




विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE

# विश्व कोंकणी परिचय कोश

# ENCYCLOPEDIA OF KONKANI

## खंड दुसरो
कें ते दे

मुखेल संपादक
डॉ तानाजी हळर्णकर



कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
मंगळूर



कर्नाटकांतल्या, श्रवणबेळगोळाच्या

गोमटेश्वराच्या (बाहुबली), पाशाणीमुर्तिच्या पायांकडेन कोरांतिल्ली

**श्री चावुंडराजे करवियले**

**श्री गंगाराजे सुत्ताले करवियले**

ही देवनागरी लिपींतली कोंकणी बरपावळ,

धाव्या शेंकड्यांतली आसा.

# विश्व कोंकणी परिचय कोश

## खंड दुसरो

## ( कें ते दे )

मुखेल संपादक

## डॉ. तानाजी हळर्णकार




## कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतीष्ठान
## मंगळुर - कर्नाटक

# विश्व कोंकणी परिचय कोश

**खंड : 2**



**उजवाडावपी :**
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
विश्व कोंकणी केंद्र,
'कोंकणी गांव', शक्तीनगर,
मंगळुर - 575016 - कर्नाटक

**छापपी :**
कोड वर्ड प्रोसेस आनी प्रिंटर्स,
सी-18, इंडस्ट्रीयल इस्टेट,
येय्याडी, मंगळूर

**पयली आवृत्ती : 2013**

मोल : रु. **500/-**

# Vishwa Konkani Parichaya, Kosha

Vol : 2



Publisher :
Konkani Bhas ani Sanskriti Pratishthan
Vishwa Konkani Centre
Konkani Gaunva, Shakti Nagar,
Manglore - 575016 - Karnatak

Printer :
CODE WORD, Process & Printers,
C-18, Industrial Estate,
Yeyyadi - Mangalore

First Edition - 2013

Price : Rs. 500/-

**ಈ ಪುಸ್ತಕವು ಕರ್ನಾಟಕ ಸರಕಾರದ ಕನ್ನಡ ಮತ್ತು ಸಾಂಸ್ಕೃತಿಕ ಇಲಾಖೆಯ ಹಣಕಾಸಿನ ಸಹಯೋಗದೊಂದಿಗೆ ಮುದ್ರಿಸಲ್ಪಟ್ಟಿದೆ**

ह्या कोशाक भारत सरकारच्या केंद्रीय भारतीय भाशा संस्थान - म्हैसूर हे संस्थेचो आर्थीक पालव मेळला.
मान्यताय कळोवणी F-39-4 (3)/2006-07/FAVO/GRNT. क्र. तारीख : 23 मार्च 2007

# विश्व कोंकणी परिचय कोश

## खंड - दुसरो

## ( कें ते दे )


मुखेल संपादक :

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

प्रादेशीक संपादक मंडळ :

**एम्. माधव पै - शिमोगा**

**डॉ. जयवंत नायक - मंगळूर**

**डॉ. गीता शणै - बेंगळूर**

**डॉ. सुनिता बाय - कोची**

**श्री. जे. बी. मोरायस - मुंबय**

सल्लागार समिती

**श्री. बस्ती वामन शणै**

(अध्यक्ष, कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान)

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

(मुखेल संपादक, विश्व कोंकणी परिचय कोश)

**गोकुळदास प्रभू - मंगळुर**

**डॉ. शिवराम कामत - कुमठा**

संपादन सहाय्यक

**श्रीमती आरती बोरकार - बुटे**

**कुमारी प्रणिता च्यारी**

# स्वागत

विश्व कोंकणी परिचय कोशाच्या दुसऱ्या खंडाचें आमी स्वागत करतां.

कोंकण ही परशुराम भूंय. ही भूंय पुराणकाळासावन खाशेली सुवात घेवंन आसा. कोंकणपट्टी हें भुगोलीक नांव धारण केल्ले हे भुंयेचो भुगोलीक विस्तार उत्तरेक दमण गंगा पासून दक्षीणेक कोची मेरेन, भारत देशाच्या पश्चिम किनार पट्टींत पसरला. पश्चिमी घाटाचो सह्याद्री पर्वत आनी अरबी समुद्र हांचे मदलो हो प्रदेश निसर्गाचे मनभुलोवणे गिरेस्तकायेन नटला.

इतिहासीक, राजकीय उलथा-पालथींक लागून, कोंकणी समाज विंगड विंगड प्रदेशांनी शिंपडून गेल्ल्यान, सगळ्यां कोंकणी लोकांमदीं एकसुत्री संपर्क आनी संबंध उरूंक पावलो ना. अखील भारतीय कोंकणी परिशदेन 1939 त हो संपर्क आनी संबंध कांय प्रमाणांत घडोवन हाडपाचो आपलेपरीन यत्न केलो आनी तिका तातूंत यशय आयलें. कोंकणीचें मूळ-पीठ आशिल्लें गोंय 1961 त स्वतंत्र जालें, आनी कोंकणी भास आनी संस्कृताय हांकां एक चालना मेळली. विंगड विंगड प्रदेशांतल्या कोंकणी लोकांमदीं कोंकणी अस्मितायेची जागृताय निर्माण जाली. कोंकणी लोकांमदलो संपर्क - संबंध वाडलो.

हे परिस्थितींत, काळाची गरज कशी, कोंकणी समाजाची वळख, संसारभर, पातळिल्ल्या कोंकणी लोकांक करून दिवपाचो विचार मुखार आयलो. विश्व कोंकणी परिचय कोश हो ते दिकेंतलो एक वाटचिरो म्हणूं येता. ह्या कोशांत कोंकणी भुगोल, इतिहास, संस्कृताय, भास, साहित्य, कला, रिती-रिवाज, सण-परबो, धार्मीक थळां, वेगवेगळ्या मळांवयल्यो नामनेच्यो व्यक्ती, आदींची वळख करून दिल्या. कोंकणी संसाराची ही वळख जशी कोंकणी मनशाक फायद्याची जातली तशीच ती बिगर कोंकणी मनशाकय जातली. ते भायर, फुडाराचे कोंकणी पिळगे खातीर ती एक दायज जावंन उरतली.

कोश काम हें जशें म्हत्वाचें काम तितकेंच ते जोखमिचें आनी जापसालकिचें काम. ते खातीर संशोधनाची आवड आशिल्लो आनी आसन मांडी घालून उमेदीन काम

करतलो जाय आसता. अशा मनशाचो सोद घेत आमी कोंकणी विश्वकोशाचे मुखेल संपादक, गोंयचे डॉ. तानाजी हळर्णकार हांचेकडेन पावले. तांची विद्वत्ता, कोश कामाचो अणभव, तांची कोंकणीबद्दलची लागणूक आनी आंग मोडून काम करपाची पद्दत आमकां खबर जाल्ल्यान आमी तांकां ह्या कोशाच्या संपादनाची जापसालकी घेवपाची विनंती केली. कोंकणीचें काम जाल्ल्यान ताणी आमची विनंती व्हड खोशयेन मानून घेतली. विशेश मनीसबळ आनी फावशी यंत्रणा हाता कडेन नासतांना डॉ. हळर्णकार हाणी भारी कश्ट घेवन ह्या म्हत्वाच्या कोशाचे दोन खंड पुराय केले.

पयल्या खंडाक कोंकणी जनांकडसून व्हड प्रतिसाद मेळलो हाची आमकां खोशी जाता. विशेश करून महाविद्यालय आनी विश्वविद्यालयांत शिकपी विद्यार्थ्यांक तांच्या सोद-वावरांत ह्या कोशाचो चड प्रमाणांत लाव जालो. हें ह्या उपक्रमाचें यश अशें आमी समजता. पयल्या खंडासारकोच हो दुसरोय खंड सर्वसादारण वाचक, विद्यार्थी आनी संशोधकांची कोंकणी गिन्यानाची गरज भागयतलो अशी आमकां आस्त आसा. ह्या कोशाचो तिसरो आनी निमाणो खंड रोखडोच प्रकाशीत करपाची आमी मोख दवरल्या.

ह्या तीन खंडी कोश प्रकल्प- निर्मितीक म्हैसुरच्या, भारत सरकारच्या, केंद्रीय भारतीय भाशा संस्थानाचो आर्थीक पालव मेळिल्ल्यान, हो कोश - प्रकल्प मार्गाक लागूंक पावलो. केंद्रीय भारतीय भाशा संस्थानचे आमी उपकारी आसा.

हांव कोशाचे मुखेल संपादक, संपादक मंडळाचे वांगडी, सल्लागार समितिचे वांगडी, संपादन सहाय्यक, नोंद लेखक, नोंद समीक्षक आनी छापणावळ संबंदीत हेर, हांचे उपकार मानतां.

**श्री. बस्ती वामन शेणै**

अध्यक्ष

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान

# वळख

विश्व कोंकणी परिचय कोश ह्या तीन खंडी कोशाचो, हो दुसरो खंड आतां उजवाडाक येता. हाची आमकां जशी खोस जाता तशी ती समेस्त कोंकणी जनांकय जातली म्हणपाचो भरवंसो आसा.

पयल्या खंडांत नोंदी अ ते कू (अंकपटी ते कूड) आसल्यो. ह्या दुसऱ्या खंडांत कें ते दे (केंकरे रजनीकांत ते देखणी) नोंदी आस्पावल्यात.

कोंकणी विश्वांतल्या गिन्यानावरवीं कोंकणीचे प्रकृती- संस्कृतीची वळख, पयल्या खंडासारकी ह्या दुसऱ्या खंडातय करून दिवपाचो आमी आमचे परीन जाता तितलो प्रयत्न केला. हातूंत भुगोल, इतिहास, संस्कृताय, समाज, संस्था अशा कोंकणी प्रदेशाच्या साबार विशयांचो आस्पाव आसा. गिन्यानाक मर्यादा नासता. मूळ गिन्यानांत दिसपट्टी भर पडत आसता. हे परिस्थितींत सगळ्यां विशयांचें सगळें गिन्यान, तीन खंडाचे मर्यादे भितर दिवप अशक्य जाता. तीन खंडाचे (देड हजार पानांचे) मर्यादे भितर जितलें दिवं येता तें दिवपाचो आमचे परीन यत्न जाला.

ह्या कोशाची मांडावळ, कोशांतल्या नोंदिंची निवड, पुरक नोंदिची तजवीज, पर्यायी संदर्भ अशे कोश-घटक पयल्या खंडावरीच आसात. तेसंबंधी पयल्या खंडांत सविस्तर विवेचन केलां. ताची हांगा पुनरावृत्ती करूंकना. वाचकांनी गरजेप्रमाण पयल्या खंडाचे प्रस्तावनेंतल्यान जाय ती म्हायती घेवंची.

पयल्या खंडाप्रमाण, नोंदिचो क्रम देवनागरी वर्णमाळेच्या बाराखडीच्या क्रमाक धरून ह्या खंडांत दवरला. पूण हांगा एक बदल केला. पयल्या खंडांत अनुस्वारीत आद्य अक्षरान सुरू जावपी नोंदी अनुस्वारीत आद्य अक्षरान सुरू ना जावपी नोंदी पयलीं घेतल्या. ह्या दुसऱ्या खंडांत अनुस्वाराची दखल घेनासतांना सकयल्याप्रमाण बाराखडीच्या क्रमानुसार नोंदी घेतल्या.

पयलो खंड : अं, अ, आं, आ, इं, इ, ईं, ई, उं, उ, ऊं, उ, एं, ए, ऐं, ऐ, ओं, ओ, औं, औ.
कं, क, कां, का, किं, कि, कीं, की, कुं, कु, कूं, कू, कें, के, कैं, कै, कों, को, कौं, कौ.

दुसरो खंड : ख, खा, खि, खी, खु, खू, खे, खै, खो, खौ (अनुस्वारीत - ना अनुस्वारीत असो भेद करूंक ना).

हे प्रमाण ह्या कोशांत आस्पावल्यां नोंदिंच्या संदर्भांतल्या सगळ्या बाराखडींचो होच क्रम दवरला.

देखीक : खाडी, खाडूं, खांडेकर विष्णू सखाराम...

गडे, गणपती, गंधपूजा, गर्भाधान....

चंची, चटणी, चणे, चंदन, चपाती...

असो नोंदिंचो क्रम दवरला.

अनुस्वारीत आद्य अक्षरांच्या क्रमाप्रमाण पयलीं अनुस्वारीत आद्य अक्षरांच्यो सगळ्यो नोंदी, आनी उपरांत अनुस्वारीत नाशिल्ल्यां त्याच आद्य अक्षरांच्यो सगल्यो नोंदी असो पयल्या खंडांतलो आदलो क्रम, जायत्यां वाचकां खातीर घुस्पागोंदळाचो तसो गैरसोयिचो जाता म्हणपाचें नदरेक आयिल्ल्यान ह्या खंडांत सरळ एकच क्रम दवरपाचो निर्णय घेतला.

ह्या खंडांत नोंदीक पुरक अश्यो जंय शक्य आसा थंय, म्हणी, हुमाणीं, वाक्प्रचार दिल्यात.

कोश साहित्य हो एक आगळेतरेचो साहित्य प्रकार. ताचे खातीर आगळी अशी साधन सामुग्री, मनीसबळ आनी परंपरा लागता. विकसनशील अशे कोंकणी भाशेंत ह्या गजालींचो तसो उणावच आसा. फावशे यत्न करूनय, कोशाखातीर आवश्यक अशी म्हायती जाणकारां कडल्यान उपलब्ध जावंक पावलिना. म्हणून उपलब्ध आशिल्ल्यां संदर्भ ग्रंथांचो आनी इंटरनेटा सारक्या इलेक्ट्रॉनीक माध्यमांचो आदार घेवचो पडला. कोशा खातीर नोंदी बरयल्ल्या जाणकारांचे, संदर्भ ग्रंथ-निर्मात्यांचे, इलेक्ट्रोनिक माध्यमांच्या आस्थापनांचे आमी उपकारी आसात.

हाताकडे अपुरी कोशनिर्मिती यंत्रणा आसूनय, कोंकणीकडेन आशिल्ले बांधीलकेक लागून ह्या तीन खंडी कोशाचे आतां मेरेन दोन खंड उजवाडाक हाडपाक आमकां यश आयलें. तिसरो आनी निमणो खंड पुराय करपाक ही बांधीलकीच आमचे खातीर प्रेरणा आसतली. आमच्या ह्या प्रयत्नांक ह्या कोशाची संकल्पक-संस्था, कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान मंगळूर, ही संस्था आनी तिचो अध्यक्ष श्री बस्ती वामन शणै हाणीं आमकां सदांच सगळे तरेचो आदार करून प्रोत्साहन दिलां हें हांगा नमूद करचेंच पडटा.

नोंद लेखक, समीक्षक, संपादक मंडळ, संपादन सहाय्यक, सल्लागार मंडळ, छापणावळ संबंधीत तंत्रज्ञ आनी हेरांचे तांच्या आदाराखातीर आमी उपकारी आसात.

अक्षय तृतिया, दिनांक 13 मे 2013

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

(मुखेल संपादक)

# विश्व कोंकणी परिचय कोश
# खंड : दोन

**केंकरे, रजनीकांत (राजाराम) सखाराम :** (जल्म : 1931, कुंकळ्ळी - साश्ट, मरण : 4 जून 1957, निरंकाळ - दाभाळ)

गोंयचो एक सुटके सुटके झुजारी. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो तो वांगडी आशिल्लो. ऑगस्ट 1954 वर्सा ताणें नगर हवेलीचे सुटके चळवळींत वाटो घेतिल्लो. उपरांत जायते फावट ताणें पोर्तुगेजांच्या पोलीस ठाण्यार, मिनाखणिंचेर आनी रेल्वेचेर हत्यारबंद हल्ले करपांत वांटो घेतिल्लो. 13 एप्रील 1955 दिसा, प्रभाकर वैद्य हाच्या फुडारपणाखाला कुंकळ्ळी पोलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. 10 जून 1955 दिसा केसलरॉक ते कुळें रेल्वेलायनिचेर आशिल्ल्या, सांकवाळ 2 जुलय 1955 दिसा कश्टी - कुळें रेल्वेलायनिवेल्या सांकवाळ आनी त्याच दिसा चांदरचे रेल्वेपुलाचेर स्फोट घडोवन हाडिल्लो, तातूंत ताणें वांटो घेतिल्लो. ताचे गैर हजेरींत गोंयच्या प्रादेशीक लश्करी दंडाधिकाऱ्यामुखार (Territorial Military Tribunal) ताची चवकशी जाली. ताका इकरा वर्सां खर बंदखणिची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर 20 वर्सां खातीर ताचें राजकी हक्क काडून घेतले.

उपरांत 4 जून 1957 दिसा निरंकाल - दाभाळ वाठारांत अकस्मात 20 सैनिकांनी ताचेर आनी ताच्या वांगड्यांचेर हल्लो केलो. ह्या हल्ल्यांत ताका आनी ताच्या वांगड्यांक मरण आयलें. 18 जून 1983 दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

**- सं. म.**

**केंकरे, ललिता :** एक गोंयची अभिनेत्री. तिचो जल्म मुंबयच्या फ्रेंच ब्रीज हांगाच्या हाजी कासम वाडींत जालो. ती मूळ मुरगांवच्या चिखली गांवची. तिच्या बापायचे नाव तात्या आमोणकर. तो एक शिक्षक आशिल्लो. ललिता आनी सुधा हीं दोगांय भयणी. ललिता हिणें मुंबयच्या विल्सन कॉलेजींत बी. ए. ची पदवी मेळयली. तिका नाच आवडटालो म्हणून तिणें नृत्य शिकोवपी शिक्षक पार्वतीकुमार हाचे कडच्यान नृत्याचे शिक्षण घेतलें. बी. ए. ची पदवी मेळयल्या उपरांत तिणें भरतनाट्यमचें रितसर शिक्षण पुराय केलें. पूण ताचे पयलीं पार्श्वनाथ आळतेकर हाचे कडल्यान अभिनयाचें शास्त्रशुद्ध शिक्षण घेवन रंगमाचयेर वावुरपाच्यो लकबी समजून घेतल्यो. कॉलेज करूनय नाट्यवाचन आनी नाट्यअभिनय ती करताली. वाणी, उच्चार, शुद्ध - भास आनी समरसता हे सगळे गूण आत्मसात करून ललिता व्हडा उमेदीन रंगमाचयेर वावुरपाक लागली. 'सौभद्र', 'भावबंधन', 'भाऊबंदकी', 'शारदा', 'संशयकल्लोळ हीं तिचीं नाटकां बरींच गाजलीं. तेभायर पु. ल. देशपांडे, वसंत कानेटकर, रणजीत देसाई, विजय तेंडुलकर ह्या नव्या नाटककारांच्या इतिहासीक आनी सामाजीक नाटकांतल्यान तिणें आपलो सकस अभिनय दर एका प्रेक्षकांमेरेन पावयलो. गुजराती चित्रपटांतूय तिणें काम केलें. तिच्या सुंदर आनी उत्कृष्ट अभिनयाक लागून हे चित्रपट बरेच गाजले. साधारण ह्याच काळांत दामू केंकरे ह्या नाट्यकलाकारा वांगडा तिचें लग्न जालें. तांचो चलो होय एक रंगभूंय आनी चित्रपट कलाकार आसा.

**- माधवी देसाय**

**के. अनंत भट : पळयात → भट अनंत के.**

**केक :** एक गोड पदार्थ. पीठ, साखर, तांतयां, लोणी वा तेल सारकिले साहित्य घालून हो केक तयार करतात. तशेंच दूद वा उदक आनी बेकींग पावडरूय जंय उपेगाक पडटा थंय वापरतात. केकाची रूच वाडोवपा खातीर कांय फळां जशीं चॅरी, स्ट्रॉबेरी, द्राक्षां हांचे कुडके घालतात.

केक हो किरिस्तांव धर्मांत एक धार्मीक प्रतीक मानलां. किरिस्तांव लोकांच्या लग्नसुवाळयावेळार एक मांगलीक केक भाजतात. तांच्या धर्मांत वाडदिसाचो केक करपाची पद्धत आसा. जाचो वाडदीस आसता ताणें तो केक कापप. हो केक खूब आदल्या काळासावन तांच्या धर्मांतल्यान आयिल्लो आसा. तांच्या नातालां आनी इस्टर परबां वेळार घराघरांनी केक हो एक पदार्थ आसतातूच. तेभायर खंयच्याय वर्सुकी दिसा, देखीक : लग्नाचो वर्सुकी दीस वा नव्या वर्साक (1 जानेवारी) केक कापून, देवाक आर्गां ओंपून नव्या वर्साक येवकार दितात. पूण हालींसरां हो केक सगळ्या धर्मांनी आपणायल्लो दिश्टी पडटात. आदीं हिंदू धर्मांत केकाचो वापर जायनासलो. वाडदीस आसलो म्हणटकच जाचो वाडदीस आसतालो ताका देवाक नमन कर म्हणून घरचीं सांगताली. तशेंच घरच्या व्हडांक पांय पडून घेवन, ताका बसोवन, ताच्या कपलाक तिबो लावन, ताच्या तोंडा भोंवतणी आरत ओवाळून, ताचें तोंड गोड करून घरच्यांक वा आमंत्रीत केल्ल्या लोकांक गोड - धोड करून वाडटालीं. पूण असलें हें चित्र आतां दिसना. प्रत्येक धर्मांत वाडदीस, लग्नाचो वर्सुकी दीस वा हेर खंयच्याच वर्सुकी दिसा निमतान केक कापपाची कार्यावळ मुखेलपणान जाता.




वेगवेगळ्या धार्मीक प्रसंगावेळार वा सामाजीक सुवाळ्यावेळार प्रसंगाच्या संदर्भांत प्रतिकात्मक तरेन सजयिल्ले केक आसतात. केकांचे कितलेशेच प्रकार आसात. जशे 1) जर्मन चॉकलेट केक 2) चीज केक 3) स्पॉन्ज केक 4) बटर केक आदी.

ल्हान भुरग्यां खातीर गाडयांच्या, बावल्यांच्या आकाराचे तयार केल्ले केक मेळटात.

हिंदू धर्मांतले लोक कांय वार पाळटात. म्हणजेच कांय दीस शिवराकाचे आसतात. अशा वेळार चड करून केक खावपाक सोदिनात. हाचें कारण म्हळ्यार तातूंत तांतयां आसतात. हेखातीर हालिंसरा 'एग्लेस केक' म्हणजे तांतयां नासलेले केक तयार करतात. तसोच सामको सोपो केक म्हळ्यार 'मॅरी बिस्कीटांचो केक' होय शिवराकाचे पद्धतिचो केक आसा. आजकाल 'वायन केक' म्हणून एक नव्या प्रकाराचो केक मेळटा. हातूंत वायनचे (wine) कांय थेंबे शिपडायल्ले आसता. पूण हाची रूच गोड आसता. ल्हान पानक्या आकाराचे केक कागदी कपांनी दवरतात. तांकां 'कप - केक' म्हणटात.

**इतिहास :** केकाचो जल्म ख्रिस्तपूर्व 776 त जालो. सगळ्यांत पयलीं ऑलिम्पिक खेळांनी चीज वाटप जालें. उपरांत 1872 त दूद व्यवसायांतल्या एका अमेरिकेच्या मनशान क्रीम चीज तयार केलें. 1880 त जेम्स क्रॉफ्टनी हाणें पाश्चराइज्ड चीज तयार केलें. उपरांत

फिलाडेल्फिया क्रीम चीज म्हणून प्रसिद्ध जालें. हेंच चीज मुखार सगळ्या चीज केकांनी उपेग करपाक लागले. रोमनांनी ग्रीसपसून युरोपमेरेन ह्या चिजाचो प्रसार केलो. अमेरिकेंत वतकच अमेरिकन चीज केक ह्या नांवान प्रसद्ध जालें. फ्रेंचांनी सुरवातेकूच फ्लॅट केक तयार केल्लो. पूण तातूंत म्होंव, तांतयां, गरम मसालो, बटर, क्रीम आनी दूद घालून विविध देशांनी ताची रूच वाडयली. आदीं रोमन लोक तांतयां आनी लोणी वापरून पावाच्या चुऱ्यापसून केक करताले. उपरांत म्होंवाचो वापर करपाक लागले.

केक तयार करपाची रीत अशीः

**1) ब्लॅक फॉरेस्ट केक :**

साहित्य : 80 ग्रॅम मैदो, 100 मिली. दूद वा उदक, 130 ग्रॅम कंडेस्ट मिल्क, 50 ग्रॅम बटर, 1 चमचो बेकींग पावडर, 1 चमचो व्हेनिला इसेंस, 1/4 चमचो बेकींग सोडा, 20 ग्रॅम कोको पावडर.

फिलींग करपा खातीर : 400 ग्रॅम ताजी क्रीम (साय), 500 ग्रॅम आयसिंग शुगर, 100 ग्रॅम चॅरी, 50 ग्रॅम चॉकलेट आनी 6 चॅरी केक सजोवपाखातीर आनी 2 चमचे चॅरी सिरप.

रीत : बटर आनी कस्टर्ड मिल्क बरें चाळचें. तातूंत मैदो, बेकींग पावडर, कोको पावडर आनी सोडा घालून चाळचें. उपरांत तातूंत दूद घालून चाळून घेवचें. केक करपाच्या आयदनांत तुपाचो हात लावन चारूयवटेनीं मैदो पसरावन तातूंत चाळून घेतिल्लें मिश्रण ओतून घेवचें. 190 डिग्री सें. चेर 25 मिनटांमेरेन केक बेक करचो. ताची क्रीम (साय) एका आयदनांत घेवन, तातूंत साखर आनी इसेंस घालून 3 ते 4 वरां थंड करपाक दवरचें. उपरांत ह्या मिश्रणाक बरें चाळून घेवचें. केकाचे दोन भाग करचे. पोंदचो भाग चॅरी सिरपींत बुडोवन ताचेर ताज्या क्रिमिचें 1/3 भाग आनी कापां केल्ल्या चॅरींचे कुडके पसरावचें. आतां वयल्या भागाक लेगीत सिरपींत बुडोवन, उरिल्ली क्रिम ताचेर पसरावन घेवची. केकाक चॅरी आनी चॉकिटीन सजोवचें. दोन वरां थंड करून, हो केक खावचो.

**2) रव्याचो केक :** साहित्य : 1 वाटी रवो, 2 वाटयो धंय, 1 वाटी दूद (तापोवप ना), 1 वाटी साखर, 1-2 चमचे तूप, 1 चिमटीभर बेकींग सोडा, तिखी, वेलचेचो पिठो आनी सुकोमेवो.

**रीत :** रवो, धंय, दूद, साखर, तूप, एकठांय करून 20 ते 25 मिनटां बरें चाळचें. साखर वेवस्थीत विरगळपाक जाय. हें सगळें एकठांय केल्लें मिश्रण 2 ते 3 वरांमेरेन धापून दवरचें. 2-3 वरांनी ओव्हन 375 फॅ. हीट प्री-हीट करून घेवचो. तितले म्हणसर, ओव्हन सेफ आयदनाक तुपाचो हात लावन घेवचो. 1 चमचो उदकांत चिमटीभर बेकींग सोडा घालचो. आवडी प्रमाण तिखी आनी वेलचेचो पिठो घालचो. एकठांय केल्लें मिश्रण सुमार 1 मिनटां धवळीत रावचें. हें मिश्रण ओव्हन सेफ आयदनांत ओतून, वयल्यान काजू, बदाम आनी द्राक्षांचे कुडके पसरावचे. 375 फॅ. हिटाचेर 20 मिनटां केक, बेक करून घेवचो. बेक करतना 10 ते 12 मिनटांनी मदीं-मदीं ओव्हनांतली लायट पेटोवन केक पळोवचो. केकाच्या कडांक चॉकलेटी - तांबसार रंग आयलो म्हणटकीर, तसोच केकाचो वास सुटतकीर, केक जालो अशें समजुपाचें. ओव्हन बंद करून, केक भायर काडचो. हो केक सांजेवेळार चाये कडेन वा कोणाच्याय वाडदिसाक हो केक करचो. हो केक दोन दीस मरेन बरो तिगता.

**3) केळ्यांचो केक :** साहित्य : 2 केळीं, 1 वाटी मैदो, 1/2 चमचो बेकींग पावडर, चिमटीभर मीठ, 1/2 वाटी चॅरी, पावूण वाटी साखर, 1/2 वाटी बटर, दोन तांतयां.

रीत : सगळ्यांत पयलीं, एका आयदनांत मैदो, बेकींग पावडर आनी मीठ घालून चाळचें. तातूंत साखर, बटर, तांतयां आनी मुड्डून घेतिल्लीं केळीं, चाळून घेतिल्ल्या मिश्रणांत घालचें. सगळें एकठांय करून बरें चाळून, फेटोवन घेवचें. केकाच्या आयदनाक बटर पेपर लावन घेवचो. एकठांय केल्लें सगळें मिश्रण घालून मध्यम ओव्हनांत बेक करपाक दवरचो. केक हाताक लागतना स्पंजासारको मोव लागून आनी कडो सुटूंक लागल्यो

म्हणटकीर केक तयार जालो अशें समजुपाचें. केक जालो म्हणटकच ताका चॅरीन सजवचो.

**4) अनसा केक :** साहित्य : 4 ते 6 अनसां कापां, 4 ते 6 अक्रोडाचे कुडके, 1 चमचो बटर, 2 चमचे गॉड, 100 ग्राम म्हींव, 100 ग्राम गॉड, 100 ग्राम बटर, 100 ग्राम मैदो, 100 ग्राम कणीक, 2 चमचे आल्या कुडके, 1 चमचो सोडा, 3 चमचे धंय, अर्दी वाटी दूद, 1 तांती.

रीत : सगळ्यांत पयलीं, बटर आनी गॉड वितळावन घेवचें, तें न्हिवत येता म्हणसर, तातूंत म्हींव घालचें. हें सगळें न्हिवल्या उपरांत, तातूंत, खिरोवन घेतिल्लें तांती, धंय, दूद घालचें, मैदो, कणीक, सोडा आनी आल्याचे कुडके घालून, वेवस्थीत बरें चाळचें.

उपरांत एका आयदनांत 1 चमचो बटर, 2 चमचे गॉड वितळावन घेवन, केकाच्या आयदनाक भितरलेवटेन तें लावचे. ताचेर अनसा कुडके दवरून, मदीं-मदीं अक्रोडचे कुडके लावन, वयल्यान हे केकाचे एकठांय केल्लें मिश्रण ओतून, ओव्हनांत 170 डिग्रीचेर 20 मिनटां बेक करचो. अनसां तेंपार अशे हे केक घरांत तयार करून खावं येता.

**5) अक्रोड खाजूर केक :** साहित्य : पाव कील कणीक, 2 चमचे सोडा, 4 तांतयां, सवा वाटी लोणी, 2 वाटी साखर, 3 ते 4 अक्रोडचे कुडके, 400 ग्रॅम खाजूर (बियो काडून)

रीत : सगळ्यांत पयलीं, केक करपाच्या आयदनाक वा ट्रेक तेलाचो हात लावन कणकेचे लेप लावन घेवचे. तातूंत खाजूर मुड्डोवन घेवचो. एका व्हडल्या आयदनांत लोणी, साखर, तांतयां खिरोवन घेवन (मिक्सरांत खिरोवन घेतल्यार जाता) ह्या मिश्रणांत कणीक, खाजुराचे मिश्रण घालून चमच्यान फेटोवन घेवन, अक्रोडाचे कुडके घालून, परतून धवळचें. ओव्हनांत 30 ते 35 मिनटां बेक करचो. 25 मिनटांनी केक मदीं - मदीं पळोवचो. भाजिल्लो वास येतकच, तो भायर काडून, थंड करचो. उपरांत खावचो.

**- सं. मं.**

**केगद : पळयात → कवासो**

**केणी, चंद्रकांत शांताराम :** (जल्म : 1934, कुंकळ्ळी - गोंय; मरण : 03 फेब्रुवारी 2009, मडगांव - गोंय)

एक नामनेचो कोंकणी कथाकार आनी पत्रकार. ताचें भुरगेपण कांसावले (गोंय) गेलें, तरनाटेंपण मुंबय, दिल्ली आनी जाणटेंपण परत गोंयांत, अशेतरेन ताची जिविताची भोंवडी जाली. तो एक प्रतिभावंत लेखक, पत्रकार, हाचेभायर कोंकणी चळवळिंतलो एक झुजारी



म्हालगडो. गोंयांत हिंदीचो प्रचार करपी गोमंतक राष्ट्रभाषा विद्यापिठाचो तो पयलो कार्याध्यक्ष आसलो. गोंय सरकाराच्या इन्स्टिटयूट मिनेझीस ब्रागांझा हे पुनररचीत संस्थेचो तो पयलो उपाध्यक्ष आसलो. गोकर्ण पर्तगाळ मठ समितिचो तो तीन दसकां कार्यदर्शी आसलो. ताका कोंकणी, मराठी, हिंदी, पोर्तुगेज, इंग्लीश, गुजराती ह्यो

भासो येताल्यो. ताणें ''राष्ट्रभाषा रत्न'' ही हिंदींतली पदवी जोडिल्ली.

1950 वर्सा सांवन ताचे बरपावळीक सुरवात जाली. सुरवेक ताणें ल्हानल्हान कथा बरयल्यो. 1964 वर्सा 'धर्तरी अजून जियेताली' हो ताचो पयलो कथांझेलो उजवाडाक आयलो. 1972 वर्सा भुरग्यांच्यो काणयो आशिल्लें पुस्तक 'फुलांचो हात' उजवाडाक आयलें. उपरांत 'आशाढ पावळी' (1973) हो कथां झेलो, 'एकलो एकसुरो' (कादंबरी - 1974), 'तरेतरेची संवगां' (व्यक्ती चित्रां 1975), 'रातभर पावस' (कादंबरी - 1991), 'कथिका' (कथा - 1993) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. हांच्या उपरांत उजवाडाक आयलीं तीं 'व्हंकल पावणी' (कथा - 1985), 'अळमी' (कथा - 1975) 'उश्णी वायणां,' 'बर्मी डेज (कादंबरी), 'विराट' (कादंबरी), 'बहुरत्ना वसुंधरा' (कथा 2004), 'बिम्बां - पडबिम्बां' (निबंध-1981), 'एक सपन सपनेल्लें' (कादंबरी), 'श्रीनिवास' (कादंबरी), 'समर्पण' (कादंबरी), 'नायिका' (कादंबरी), 'मेघ मल्हार' (कथा - 1994), 'जंय वता थंय' (व्यक्ती चित्रणां 1994) अशी पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. 'History of Konkani Saraswats' हें ताणें बरयल्लें इंग्लिशिंतलें संशोधनात्मक पुस्तक आसा. कथा, कादंबरी आनी निबंध ताणें मुखेलपणान बरयल्यात. 'कथिका' हो सुपुल्लो कथा प्रकार ताणें कोंकणींत रूजयलो.

कोंकणी म्हयनाळें 'कुळागर', 'ऋतु' (कविता, म्हयनाळें) आनी मराठी दिसाळें 'राष्ट्रमत' हांचो तो संपादक आशिल्लो. 1987-89 च्या वर्सांत तो 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळ्याचो संस्थापक संपादक जालो. 1976 वर्सा मंगळूर हांगा भरिल्ल्या 11 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळाचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो.

ताणें भारतांतल्या बऱ्याच भासांतल्या कथांचो अणकार केला. मराठी आनी हिंदी भासांनी ताचीं कांय बरपां आसात. कोंकणी, मराठी आनी हिंदी ह्या तीन भासांच्या 'त्रिवेणी' ह्या म्हयन्याळ्याचो तो संपादक आशिल्लो.

कोंकणी कथेक ताणें आधुनीक कथेचो आकृती बंध दिलो. ताच्या साहित्याक जायते पुरस्कार फाव जाल्यात. 'व्हंकल पावणी' ह्या ताच्या कथा संग्रहाक 1988 वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाला. ताणें गुजराती भाशेंतल्यान कोंकणींत अणकार केल्ल्या 'सात पावलां मळबांत' ह्या पुस्तकाक अणकाराचो साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाबला. राज्य पुरस्कार ताका दोन फावट फाव जाला. तेभायर, गोंय सरकाराचो 'गोमंत शारदा' पुरस्कार ताका 2005 वर्सा भेटयलो.

ताच्या संपादनाखाला भायर सरपी 'राष्ट्रमत' ह्या दैनिकाची दोन म्हत्त्वाचीं योगदानां आसात. पयलें योगदान, कोंकणी चळवळीक जनाधार जोडून दिवपाचें. राष्ट्रमतांतल्यान प्रसिद्ध जाल्ल्या कोंकणी संबंधिच्या लिखाणांतल्यान, कोंकणीचो विशय सामान्य लोकांमेरेन, बरेतरेन पावूंक लागलो. ओपिनियन पोलावेळार तर गोंयच्या स्वतंत्र राजकीय अस्तित्वा वांगडाच, स्वतंत्र कोंकणी अस्मितायेचो प्रचार खूप नेटान जालो. ओपिनियन पोल जिखून, गोंयकारांनी महाराष्ट्रांतलें गोंयचे विलिनीकरण भायरावन, गोंयाक वेगळें राज्य मेळोवन दिलें, तातूंत 'राष्ट्रमत' ह्या दिसाळ्याचें काम खूप व्हड आसा.

राष्ट्रमताचे दुसरें योगदान आसा ते नवे पिळगेंतले कोंकणी लेखक घडोवपाचें. राष्ट्रमताच्या आयताराचे कोंकणी पुरवणींतल्यान, जाक्त्या नवोदितांक लेखन - व्यासपीठ मेळूंक पावलें. आयचे नावाजते कोंकणी लेखक, हे तेन्नाचे राष्ट्रमताचे नवोदीत लेखक आसले. गोंय, गोंयकार आनी तांची भास कोंकणी हांचेखातीर जीणभर वावुरप्यांमदलो तो एक कर्मवीर आसलो.

**- सं. मं.**

**केतकी : पळयात → कवासो**

**- व्हिक्टर डिसिल्वा**

**कॅथोलीक शिक्षा मंडळ** (Catholic Board of Education) : मंगळुरच्या वाठारांतली एक शिक्षणीक संस्था. फादर मो. रायमंद मास्कारेन्हस हाणें 26 जुलय 1932 वेर एक सभा जमयली. हे सभेंत, सगळ्यां भुरग्यांक मोफत शिक्षण दिवपाच्या उद्देशान आनी शाळा चलोवपाक येवपी आडखळींक उपाय काडपाक ''काथोलीक शिक्पा मंडळी'' ची स्थापना केली.

फुडें ही संस्था ''मंगळूर दियेसेजिची काथोलीक शिक्पा मंडळी'' ह्या नांवान 6 सप्टेंबर 1956 दिसा, सोसायटी रजिस्ट्रेशन 1860 अॅक्टाखाला रजीस्टर्ड जाली. हे संस्थेच्या स्थापने आदलो इतिहास सामको 18 व्या शेंकड्याक वचून तेंकता. शिकपाची इत्सा आशिल्ल्या समाजांतल्या ल्हान व्हड सगळ्या घटकांक शिक्षण मेळप गरजेचें आसा.

तशेंच त्या काळांतले परिस्थितीक धरून शिक्षणाचे म्हत्त्व तळा-गाळामेरेन पावोवपाची गरज आसा. हीं उद्दीश्टां मतींत दवरून 1702 त बंटवाळ मोडंकाप हांगा इनफेंट जीजस प्राथमीक शाळा सुरू जाली. ही शाळा ही सुरवात जाली. मागीर शाळांखातीर चडशो सुविधा नासतनाय, इगर्जेचे वासरेंत, पाद्रिंच्या घरा-सोप्यांचेर अवघ्याच भुरग्यांक घेवन आनीक शाळा सुरू केल्यो. सुर्वेक पाद्रींनीच शिक्षक जावंन शिकोवपाचें काम केलें. ह्या शाळांमदीं आनी शाळांनी शिकयतल्या शिक्षणाक एक समान रीत येवचेखातीर तेन्नाचे बिस्प. डॉ. विक्टर फेर्नांद हाच्या मुखेलपणाखाला एक समिती वावर करताली.

सुरवेक ल्हान प्रमाणांत आनी खोपिंनी सुरु केल्ली ही शिक्षण चळवळ, आयज ह्या मंडळाच्या बुदवंत जाळवणदारांच्या हिकमती वरवीं तिचो विस्तार जाला. आख्ख्या कर्नाटक राज्यांत, सगळे कडेन प्राथमीक ते पदवी मेरेनचे शिक्षण दिवपी, सुसज्ज स्थितिंतल्यो खूप संस्था आयज, वेगवेगळ्या विशयांतलें शिक्षण दिवपाचो क्रांतिकारी वावर चलयता.

**के. दत्ता :** एक गोंयकार चित्रपट संगीतकार. ताचें पुराय नांव दत्ता कोरगांवकर आसून ताणें नाटकांक संगीत दिवन आपल्या कलेची सुरवात केली. नाट्यक्षेत्रांत पार्श्वनाथ आळतेकर हांचेकडेन ताची वळख जाली. तो मागीर ताका 'हंस' कंपनींत घेवन गेलो आनी हे कंपनीच्या 'सुखाचा शोध' उर्फ 'मेरा हक' या चित्रपटांतल्यान 1939 वर्सा ताच्या चित्रपट संगीत कलेची सुरवात जाली. ताचे उपरांत भालजी पेंढारकर हाचें 'अलख निरंजन', 'महारथी कर्ण' या चित्रपटांक तशेंच, 'गीता', 'सुनबाई', 'गोरा कुंभार', 'महात्मा विदूर', 'जमीन', 'बडी माँ', अशा चित्रपटांक ताणें संगीत दिलां. लाहोरांतली (पाकिस्तान) अभिनेत्री नूरजहाँ हिगेल्या 'नादान' ह्या पयल्या भारतीय चित्रपटाक के. दत्ता हाणें संगीत दिलें. 'गळ्याची शपथ' (1949) हो ताचो निमणो मराठी आनी 'हरिहर भक्ती' (1956) हो निमणो हिंदी चित्रपट आसलो. 1956 उपरांत ताणें चित्रपट मळ सोडलें आनी भक्तिसंगिताच्यो खाजगी कार्यावळी करूंक लागलो.

**- सं. मं.**

**केनरा ब्यँक :** भारत देशाच्या 23 पब्लीक सेक्टर ब्यँकामदीं ज्यो चार बँको कर्नाटक राज्यांत स्थापन जाल्यो, तांच्यामदली ही एक ब्यँक. सुर्वेक ''केनरा हिंदू पर्मनंट फंड'' ह्या नांवान 1906 त ही ब्यँक सुरू जाली. 1910 त तिचे 'केनरा ब्यँक' अशें नामकरण जालें. तिचें मुखेल कार्यालय कर्नाटकाच्या बंगळूर शारांत आसा.





मुखेल कार्यालय

ही बँक अम्मेंबळ सुब्बराव पै (1852-1909) हाणें स्थापन केली. सुब्बराव हाचे बी. ए., बी. एल्. मेरेनचे शिक्षण तेन्नाचें मद्रास (आतांचें चेन्नय) हांगा जालें. शिक्षण जातकीर ताणें कोडियाल (मंगळूर) हांगा आपली वकिली सुरू केली. त्या काळांत दक्षीण कन्नड प्रदेशांत दुर्बळ आनी मध्यम वर्गाखातीर पयशांची बचत करची आनी बचतिचेर कळंतर (व्याज) दिवपी बरी आर्थीक वेवस्था नासली. ह्या लोकांक बचत आनी कळंतर हांची सुविधा प्राप्त जावंची उद्देशान सुब्बारावान 'केनरा हिंदु पर्मानंट फंड' ही ब्यँकींग वेवस्था सुरू केली, जी उप्रांत 'केनरा ब्यँक' नांवान मुखार सरली. हे ब्यँकेचो संस्थापक अध्यक्ष अम्मेंबळ सुब्बाराव पै, खजिनदार के. पी. रामराव आनी कार्यदर्शी गोपाल नायक आसलो.

एक ल्हान आर्थीक संस्था म्हणून आरंब केल्ले हे संस्थेचो काळांतरान विस्तार जायत गेलो. आयचे घडयेक देशाचीं 25 राज्यां आनी 4 केंद्रशासीत प्रदेश मेळून हे ब्यँकेच्यो 2408 शाखा आसात. ते भायर, परदेशांत, लंडन हांगा एक शाखा आसा. तशेंच 13 वर्तुळ कार्यालयां, 1 आंतरराष्ट्रीय विभाग, 38 प्रादेशीक कार्यालयां आसात. सुमार 47,850 कर्मचारी हे ब्यँकेच्या विविध उपक्रमांनी काम करतात. तशेंच पेट्रोलियम, इंजिनियरींग, इन्फ्रास्ट्रक्चर, फॅक्टरींग, इन्वेस्टमेंट मॅनेजमेंट, वेंचर कॅपीटल, होम फायनान्स आनी सेक्युरिटीस अशे आनीक सेवा विभाग आसात. हे ब्यँकेचे शॅर (Shares) बेंगळूर, मुंबय आनी नॅशनल स्टॉक एक्सचेंजांत आसात. ब्यँकेच्या शॅराचो वेव्हार ''कार्वी कन्सलटंट'' ही संस्था पळयता.

1953 त हे ब्यँकेन मुंबय शारांत पयलो फॉरेन एक्स्चेंज विभाग सुरू केलो. आयज मुंबय, दिल्ली, कलकत्ता, चेन्नय, बेंगळूर आनी लंडन हांगा हे विभाग कार्यरत आसा. केनरा ब्यँक विश्व करन्सीची (चलन) देव घेवय करता.

बायलांखातीर हे ब्यँकेन खाशेल्यो येवजणी चालू केल्या. 1988 त बेंगळुरच्या कॉर्पोरेट कार्यालयांत उद्योग सुरू करतल्या बायलांक आर्थीक मदत करच्या उद्देशान 'दी सेंटर फॉर एटप्रायनरशीप फॉर विमेन' ही संस्था सुरू केली. असल्यो 9 संस्था वेगवेगळ्या राज्यांनी बँकेच्या वर्तुल कार्यालयांनी कार्यरत आसा. ब्यँक उद्योगांत महिला शाखा सुरू करपी कॅनरा बँक ही पयली ब्यँक आसा. आयचे घडयेक हे ब्यँकेचे महिला - विभाग बेंगळूर, दावणगिरी, शिमोगा (कर्नाटक), आग्रा (उत्तर प्रदेश), मदुराय (तमिळनाडू) त्रिशूर, कोझीकोड (केरळ), हांगा चलता. हे महिला विभाग खासा बायलांक गरजेच्या सगळे तरेच्यो सेवा दिता.

**- डॉ. गीता शेणै**

**केनरा वाडावळ आनी शांती संघटन :** (Canara Organisation for development & Peace) : एक समाज सेवी संस्था. मंगळूर (कर्नाटक) हांगा ही संस्था 1974 सावन कार्यारत आसा. मंगळुरच्या दियेसेजिच्या धर्माध्यक्षाच्या फुडारपणाखाला आसलेली ही संस्था मंगळूर, उडुपी तशें कासरगोड वाठारांनी, शिक्षण, भलायकी, शेती, स्त्री-संघटन, लघुउद्योग, आपमजत - गट अशा विविध मळांचेर काम करता. न्याय, समादान आनी मोग हे बांदवळिचेर मनशांनी समाजांत वावरुन आपली, तशी

हेरांची जीण सुखी करची हो हे संस्थेचो उद्देश आसा.

हे संस्थेवरवीं चालंत आशिल्ले कांय उपक्रम अशे आसात :

**1) ग्रामीण स्व उद्योग उपक्रम :** 1982 वर्सा सुरू केल्ल्या ह्या उपक्रमावरवीं, सुमार चाळीस गांवगिऱ्या वाठारांनी, लघु उद्योगासंबंधी कार्यशाळा घडोवन हाडून, सुमार 2200 तरनाट्यांक तांच्या गांवांनी स्वयं उद्योग सुरू करूंक तयार केल्यात. 1999 त आधुनीक कंप्युटर शिकप दिवपाची वेवस्था मांडून हाडल्या.

**2) शिष्यवृत्ती :** 1975 त सुरू केल्ले हे येवजणे खाला, आर्थीक नदरेन दुर्बळ घटकांच्या भुरग्यांक उंचेलें शिक्षण घेवच्याखातीर आर्थीक पालव दिवप जाता.

**3) भुरग्यांक आदारी येवजण :** 1984 त सुरू केल्ले हे येवजणेंतल्यान, समाजांतल्या गरीब-दाट्यांच्या भुरग्यांक शिक्षण तशें तांच्या बऱ्या कुटुंबीक फुडाराखातीर तांकां सगळे तरेचो आदार करता. आतांमेरेन सुमार एका हजारावयर भुरग्यांक हे येवजणेचो लाव जाला.

**4) कुटूंब आदारी येवजण :** 1975 सांवन सुरू जाल्ले हे येवजणे अंतर्गत, दर वर्सा जायत्या गरजू कुटुंबांक, तांचो दिसवडो जोडूंक आदार जाता.

**5) समाज विकास संस्था :** 1998 त सुरू केल्या ह्या उपक्रमाखाला, समाजसेवेंत वावुरतल्यांखातीर, प्रादेशीक तशें राश्ट्रीय पावंड्यार कार्यभार सांबळपाचें प्रशक्षण दिवपी कार्यशाळा, शिबिरां आयोजीत करून, विविध विशयांचे गिन्यान आनी बुदवंतकाय दिवपाची वेवस्था जाता.

**6) एल्. एम्. पिंटो भलायकी केंद्र :** 1994 त भेथनी भयणींच्या आदारन बेळंतघडी लागीं आशिल्ल्या बद्यार गांवांत सुरू केल्ल्या ह्या केंद्रार, तात्पुरती तपासणी तशें हॉस्पीटल सेवा मेळटा. हे सेवे वांगडाच एड्स पिडेकारांखातीर खाशेली तपासणी, खाणां, वखदां, नितळसाण आनी भलायकेसंबंधी हेर तरेचें मार्गदर्शनय हांगा करतात.

**7) स्त्री - आप मदत गट :** कुटुंबांतली बायलांची म्हत्त्वाची सुवात समजून घेवंन, तांचेमदीं जागृताय घडोवन हाडून, तांचें गांवांगांवांनी गट स्थापन करून आनी तांकां फाव ते आर्थीक पालव दिवन, तांचें कडल्यान स्वयं-रोजगार - उद्योग सुरू केल्यात. अशे सुमार 200 गट, 700 वयर विभागांनी, 25 लाख भांडवलाचेर स्वयं - रोजगार - उद्योग चलयल्यात.

**- व्हिक्टर डिसिल्वा**

## के. (कुंकळीयेकार) वैकुंठ दत्ताराम :

नामनेचो गोंयकार

छायाचित्रकार. चित्रपटाच्या मळार ताका कै. वेकुंठ ह्या नांवानूच लोक चड वळखताले. ताचो मुळगांव, मडगांव - कोंब हांगाचो. ताचो बापूय शिक्षक आसलो.

भुरगेपणांतसून ताका चित्रकलेची आवड आसली. पिरायेच्या 17 व्या वर्सा तो गोंयांतल्यान मुंबयत गेलो आनी थंय कॅमेरामन सुरेंद्र पै हाचे कडल्यान फॉटोग्राफीचें शिक्षण घेवंक लागलो. थंय ताणें 3 वर्सां काम शिकल्या उपरांत तो एक बरो छायाचित्रकार म्हण मुखार आयलो.

1953 वर्सा 'गरमकोट' ह्या चित्रपटाचें चित्रीकरण करपाक ताका पयलेच खेपे संद मेळ्ळी. 'सिंधुदुर्ग', आनी 'गोवा मार्चेस ऑन' हो गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हाच्या जिविताचेर आदारिल्लो लघुपट, हातुंतल्यान ताच्या छायाचित्रणाचो उंचेलो पांवडो दिश्टी पडटा.

'कोशिश' ह्या चित्रपटांत नायक आनी नायिका, मोने आनी भेड्डे आसतात. के. वैकूंठ हाणे आपल्या असामान्य कल्पना शक्तीन खाशेल्या कोनशांनी घेतिल्ल्या छायाचित्रणाक लागून ह्या कलाकारांचे हावभाव, तांच्या संवादापरस चड अर्थपूर्ण जाल्यात.

'गरमकोट' ह्या ताच्या चित्रपटाक पयले फावट 1953 वर्साचें चित्रिकरणाचे नॅशनल ॲवॉर्ड मेळ्ळें. 'मयुराक्षी डेंम' ह्या लघुपटाक राष्ट्रपतीचे भांगरापदक फाव जालें. 1962 वर्सा 'मॅन द क्रियेटर', आनी 'ट्रेसेस ऑफ मॅन' ह्या लघुपटांक राष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाले. ताणें

छायाचित्रण केल्ल्या 'सीता और गीता' ह्या सिनेमाक ताका फिल्म फेअर ॲवार्ड' मेळ्ळें. तेचपरी नामनेचो चित्रपट निर्मातो रामानंद सागर हाच्या 'गीत' आनी 'प्रेमबंधन' ह्या दोनय चित्रपटांक 'ऑल इंडिया फिल्म असोसिएशन' ची इनामां फाव जाल्यांत. आंतरराष्ट्रीय सुवाळ्यांत जैतिवंत जाल्या सुखदेव हाच्या 'बँगाल टायर्स' आनी 'मायल्स टू गो' ह्या चित्रपटांचें छायाचित्रण ताणेंच केलां. 'मेरे अपने', 'कोशिश', परिचय', 'अचानक', 'आंधी', 'मौसम', 'खुशबू', 'मीरा' ताणें छायाचित्रण केल्ल्या, ह्यां चित्रपटांक इनामां फाव जाल्यांत.

- **सं. मं.**

**केनरा संस्था :** (केनरा हायस्कूल असोसियेशन) मंगळूर (कर्नाटक) हांगची एक पुरातन शिक्षणीक संस्था. कर्नाटकांतल्या कोंकणी मनशांनी चलयल्ल्या शिक्षणीक संस्थांमदली एक नांवाजती संस्था. ही संस्था आकाराक येवचे पयलीं, खूप आदीं म्हणजे 1981 वर्सा, गौड सारस्वत ब्राह्मण समाजांतल्या यु. श्रीनिवास राव, बि. पद्मनाभ बालिगा, बि. वामन बालिगा आनी अर्कळ वासुदेव राव अशा चार पदवीधर मनशांनी मुखार सरून समाजाच्या लोकां खातीर शिक्षणाची सोय करून दिवपाक, मंगळुरांत एक शाळा सुरू करपाचो विचार केलो. ताणीं कोडियाल बैल हांगा चॅपेलामुखार एका भाड्याच्या घरांत 'केनरा हायस्कूल' सुरू केलें. तेच ह्या स्कुलाचे सुरवेक शिक्षक जावंन वावुरले. ए. पद्मनाभय्य नावाचो आनीक एक शिक्षक तांकां मेळलो. 1893 त ह्यां पदवीधरांनी हायस्कुलाचो वावर बरेतरेन मुखार व्हरपा खातीर वेवस्थापनाचो भार घेवपी समाजांतल्या प्रतीश्टीत लोकांक घेवन एक कार्यकारी मंडळ घडयलें. मंगळुरचो नामनेचो वकील आनी केनरा ब्यँकेचो संस्थापक अम्मेंबळ सुब्बाराव पै हो ह्या मंडळाचो एक वांगडी आसलो.

ही संस्था सुरू केल्ल्या लोकांच्या मनांत एक खाशेलें उद्दीश्ट आसलें. प्राचीन भारतीय संस्कृती आनी आधुनीक विज्ञान आनी तंत्र गिन्यान, हांची सांगड घालून, जिवीताक उभारी हाडपी शिक्षण दिवपी संस्था उबारप हें तांचें ध्येय आसलें. ''विद्या कामदुग'' ''विद्या म्हणजे सगळ्यो कामना पुराय करपी कामधेनू आसा ह्या वेदीक तत्त्वाचेर आदारिल्लें 'कामधेनू' चें चित्र आशिल्ली हें संस्थेची निशाणी (Emblem) आसा. तातूंत कल्पतरू, म्हणजे कल्पीता ते दिवपी रुख आनी ह्या रुखा पोंदा कामना पुराय करपी बसिल्ली कामधेनू दाखयल्या. तशें सकयल गुरून शिश्याक केल्लो उपदेश सांगपी उपनिषदांतलें वाक्य 'सत्त्यंवदः धर्मंचल'' (सत्य आचरण करून धर्मान वाग) आसा.

ल्हान प्रमाणांत, भाड्याचे सुवातेर सुरू केल्ल्या ह्या शिक्षणीक रुखाचो विस्तार जावन, आयचे घडयेक हे संस्थेच्या आसऱ्या खाला तीन हायस्कुलां, तीन प्रायमरी शाळा, दोन महाविद्यालयां आनी एक इंजिनियरींग महाविद्यालय शिक्षण - दानाचें कार्य करता. तांची थोडे भितर सकयल म्हायती दिल्या.

**1) केनरा हायस्कूल :** 30 जून 1891 दिसा ही शाळा, कोडियालबैल (मंगळूर) हांगा एका भाड्याच्या घरांत सुरू जाली. आयजमेरेन हे शाळेन 1916 वर्सा रुप्या उत्सव (Silver Jubilee), 1941 वर्सा भांगरा उत्सव (Golden Jubilee), 1951 वर्सा वज्रा उत्सव (Diamond Jubilee), 1961 वर्सा अमृत महोत्सव (Platinuim Jubilee), आनी 1991 वर्सा शतकमहोत्सव (Centenary) मनयल्या.

**2) केनरा गर्ल्स हायस्कूल :** खासा चली भुरग्यांखातीरच म्हणून ही शाळा 1894 त कोडियालबैल हांगा एका ल्हान घरांत सुरू केली. ही शाळा सुरू करूंक ए. सुब्बाराव हाणी फुडाकार घेतलो. मागीर ही शाळा केनरा हायस्कुलांत हाडली. उप्रांत 1904 त केनरा हायस्कुलामुखार तिका एका स्वतंत्र इमारत बांदली.

**3) केनरा हायर प्रायमरी स्कूल :** ही शाळा 1947 त सुरू करून, केनरा एलिमेंटरी शाळेचो आरंभ जालो. हे

शाळेचो मुखेल जाळवणदार एम. रामचंद्र पै आसलो. हांगा फकत चल्याभुरग्यांकच प्रवेश आसलो. 1951 त केनरा गर्ल्स हायस्कूल जाल्ल्याना, गर्ल्स हायस्कुलाचे कांय वर्ग ह्या प्रायमरी शाळेक जोडून, 'को - एड केनरा हायर प्रायमरी स्कूल अशी तिका वयर वाडयली.

**4) केनरा इंग्लीश हायर प्रायमरी स्कूल :** मंगळुरच्या मध्यवर्ती आशिल्ल्या डोंगरकेरींत हे शाळेचो आरंभ 1970 वर्सा जालो.

**5) केनरा प्री युनिव्हर्सिटी कॉलेज :** कर्नाटकाच्या शिक्षण विभागान 1971 वर्साच्या मे म्हयनांत, दोन वर्साच्या प्री युनिव्हर्सिटीच्या अभ्यासक्रमांक, युनिव्हर्सिटीपासून वेगळे काडपाची पॉलिसी आपणायली. ही संद घेवंन केनरा हायस्कूल असोसिएशनान केनरा प्री युनिव्हर्सिटी कॉलेज सुरू करपाचो निर्णय घेतलो आनी प्रि. यु. कॉलेज सुरू केले.

**6) केनरा कॉलेज :** दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत, देशाच्या स्वातंत्र्योत्तर काळांत, उच्च शिक्षणासंबंधी लोकांमदीं एक ओड निर्माण जाल्ली. तेदेवेळच्या लोकांच्या उच्च शिक्षणाची गरज भागोवपाइतकी थंय सोय नासली. जायते भुरगे ते खातीर कॉलेज शिक्षणाक वंचीत जाताले. ही अडचण पयस करपाच्या इराद्यान केनरा हायस्कूल असोसिएशनान 1973 सालांत हें कॉलेज सुरू केलें.

**7) केनरा इंजिनिअरींग कॉलेज :** केनरा हायस्कूल असोसिएशनचो शतमानी प्रकल्प म्हणून केनरा इंजिनियरींग कॉलेजाची स्थापना 2001 त बंटवाळ तालुक्यांत जाली. सुर्वेक 180 जागे आनी तीन इंजिनियरींग अभ्यासक्रमान सुरू केल्ले हे कॉलेजींत 2004 वर्सा आनीक दोन इंजिनियरींग अभ्यासक्रमांची भर पडली. सद्याक हांगा स विभाग आसून थंय 360 विद्यार्थी वेगवेगळ्या शाखांनी शिकतात.

8) हाचेभायर केनरा नर्सरी स्कूल (1969) आनी केनरा बालवाडी स्कूल (1978) ह्यो भुरग्यांखातीरच्यो संस्था, केनरा गर्लस् इन्स्टिट्यूट ऑफ फूड प्रोसेसिंग आनी केनरा टेनीस अकाडेमी ह्यो संस्था, ह्या आस्थापनाखाला चलतात

**- डॉ. वासप्प गौड**

**कॅबेज : पळयात → कोबी (कोबू)**

**केर : पळयात → कार उत्सव**

**केरकार, केसरबाय :** (जल्म : 13 जुलय 1882, केरी - फोंडे, गोंय; मरण : 15 सप्टेंबर 1977 मुंबय)

नामनेची गोंयकान्न शास्त्रीय संगीत गायिका. तिचो जल्म एका संगीत कलाकार घराण्यांत जालो. तिचें आवयचें नांव भीमाबाय आसलें. ल्हानपणासांवन तिका संगिताची ओड आशिल्ली. गोड आवाजाची देणगी तिका जल्मजात मेळिल्ली. केरी गांवांत जात्रेच्या दिसांनी जावपी गवळण कालो ह्या नाटिकेसारक्या कालाप्रकारांत केसरबाय कृष्णाची भुमिका करताली आनी ते भुमिकेंतलें तिचें गायन आयकुपा खातीर गांवच्या लोकांची गर्दी जाताली.

घरांतले संगिताचें शिक्षण घेतल्या उपरांत त्या काळांत नामनेचो गायक पंडित वझेबुवा, दिवचल लागसार आशिल्ल्या लामगांव गांवांत श्रीमंत लामगांवकार देसाय हांगेर रावतालो. थंय बुवाकडेन संगिताचें शिक्षण घेवपा खातीर केसरबाय आपल्या आवयवांगडा बिराड करून दोन वर्सां रावली. वझेबुवाक भोंवडेर वचचे पडिल्ल्यान तालीम अर्द्यारच बंद पडली तेन्ना ती 11 वर्सांची आसली. पूण तिचो संगिताचो रियाज नेमान चालू आसलो आनी संगिताचें शिक्षण घेवपाची तळमळ वाडत आसली. 1908 वर्सा, केरकार आपले संगिताचें उंचेले शिक्षण घेवपाखातीर मुंबयत गेली.

त्या काळांत मुंबयत सतार, पखवाज आनी गायन हे कलेंत फिशालकाय जोडिल्लो बरकतुल्ला खाँ हाचें नांव गाजतालें. ताची तालीम मेळोवप भोव कठीण आसलें.


केसरबाय केरकार मैफलींत गायन सादर करतना.

तरी केसरबायचो ताळो, लय आनी गायन पळोवन ताणें तालीम दिवपाचें मान्य केलें. ही तालीम केसरबायक अखंड पांच वर्सां मेळ्ळी. फुडें खाँ सायबाक पतीयाळा संस्थानचो दरबारी गायक म्हूण नोकरी मेळिल्ल्यान ही तालीम सुटली. सतारीयाकडल्यान घेतिल्ल्या हे लयप्रधान गायकिचो उपेग केसरबायक आपल्या फुडल्या जिवितांतली संगितांतली उदरगत घडोवन हाडपाक जाली तशेंच तिची जी प्रगती जाली, तातूंत बरकतुल्लाचो म्हत्वाचो वांटो आसा. तिच्या उपरांतच्या गायनांत एका स्वराकडल्यान दुसऱ्या स्वराकडेन वतना अती सूक्ष्म आंदोलनां दिसून येतालीं, तीं सतारीची आंदोलनां आसलीं. शिक्षण बंद जालें. तरिकूय केसरबायची शिक्षणाची तळमळ वाडत आसली. त्या काळांतलो नामनेचो असो गावपी पंडीत भास्कर बुवा बखले हाका विनंती करून, व्हड यत्नांनी तिणें शिकवण मेळयली. पूण देड वर्सांउपरांत बुवान पुण्याक क्लास सुरू केल्ल्यान ताका पुण्याक वचचें पडलें आनी तीय तालीम बंद जाली. तरीकूय केसरबायन आपली जिद्द सोडली ना, शास्त्रीय संगिताच्या शिक्षणाचो तिचेकडेन सांठो जाल्लो तरी आनिकूय उंचेलें शिक्षण घेवपाची उमळशीक तिका लागिल्ली. ती योग्य गुरूच्या सोदांत आसली. सुर्वेक सांवन आतांमेरेन गायनांच्या शिक्षणांत येवपी आडमेळ्यांक केसरबायन धाडसान तोंड दिल्लें. भास्करबुवाचो गुरूजी खाँ साहेब अल्लादीया खाँ हाचेकडल्यान शिक्षण घेवपाची तिच्या मनांत उपाट इत्सा आसली. करवीरचो छत्रपती शाहू महाराज, कलकत्याचो संगिताचो शौकीन गिरेस्त शेट लाला दूलीचंद आनी मुंबयचो श्रीमान शेट विठ्ठलदास द्वारकादास ह्या तिगांयवरवीं केसरबायन खाँसायबाक विनंती करतकच कांय अटीचेर खाँसायबान मान्यताय दिली. तालीम सुरू जाली आनी 1 जानेवारी 1925 दिसा संगितांतल्या व्हड जाणकारांचे उपस्थितींत गंडा बंधन सुवाळो मोठ्या दबाज्यान जालो.

खाँसायबान केसरबायक शिक्षण दिवपाचें मान्य केलें. खाँसायबाकडेन अखंड तालीम घेवन केसरबायन जयपूर घराण्याची खरी गायकी खोलायेन आपणायली. खाँसायबाकडलो संगिताचो रियाज सकाळ सांजवेळ चलतालो. 1920-1946 ह्या 26 वर्सांच्या काळांत केसरबायक खाँसायबाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. केसरबायन ह्या काळांत कितल्योश्योच उंच पावंड्यांचो मैफिली सादर केल्यो. संगितांतल्या जाणकारांनी तिच्या गायनाची उपाट तुस्त - तोखणाय केली.

केसरबायचे खूप सत्कार जाले. एप्रील 1938 त, कलकत्याच्या नागरीकांकडल्यान तिचो व्हडलो सत्कार जालो. रवींद्रनाथ टागोर हाणें स्वहस्ताक्षरांत पत्र धाडून 'सूरश्री' ही पदवी तिका दिली. तिका दिल्लीची सरकारी सनद मेळ्ळी. 1950 त 'पद्मभूषण' पुरस्कार मेळ्ळो. महाराष्ट्र सरकारान तिका राजगायिकेचो भोवमान दिलो.

मलबाराव सरदेसाय हाचें अध्यक्षतेखाला गोंयकारांनीय तिचो व्हड सत्कार केलो. दर वर्सा केसरबाय केरकार हिचो भोवमान म्हूण गोंयांत सरकारी

पावंड्याचेर, कला अकादमी-गोंय आयोजीत सूरश्री केसरबाय केरकार स्मृती संगीत समारोह हो संगिताचो उत्सव जाता. ह्या उत्सवांत भारतांतले नामनेचे संगितकार हाजीर रावतात. सूरश्री केसरबाय केरकार ह्या नांवाचे एक माध्यमिक स्कूल फोंडे तालुक्यांतल्या केरी ह्या तिच्या जल्म गांवांत आसा.

- सं. मं.

**केरकार, जगन्नाथ राय :** पेशव्यांचे मुस्तिंतलो एक गोंयकार झुजारी.

नामनेचो झूज - मुत्सद्दी. बक्षीबहाद्दर जिवबादादा केरकार हाचो हो बापोलभाव. जिवबादादा हाणेंच ताका शिंद्यांच्या सैन्यांत नोकरी दिल्ली. ताणें कांय झुजांत इतली बरी कामगिरी केली की स्वता शिंदे सरकारान ताका सरदारकेचीं वस्त्रां दिलीं. ताच्या सैन्यांत 15 हजार घोडेस्वार, 25 हजार गारदी आनी 200 नाळी आशिल्ल्यो. दिल्लीचेर गिलच्यांनी चाल केली तेन्ना व्हड पराक्रम करून ताणें तांकां परते धांवडायले.

- सं. मं.

**केरकार, जिवबादादा गणेश :** (जल्म : 1740 केरी, पेंडणें - गोंय, मरण 6 जानेवारी 1796, जांबगांव)

पेशव्यांचे मुस्तिंतलो झुजारी. पेडणे म्हालांतल्या मोरजी वाठारांत ताचें मूळ घराणें. ताचो आजो विठ्ठल शेणवी संजगिरी हो मोरजेचो कुलकर्णी आसलो. ताका गणेश, बळवंत आनी रामकृष्ण अशे तीन पूत आसले. तातुंतल्या गणेश हाचो जिवबा हो व्हडलो पूत. ताका बापोलयो बळवंत हाका पोसको दिल्लो. ताच्या आज्यान केरी वाठारांत जागो घेवन घर बांदलें. उपरांत घरचीं सगळीं मनशां मोरजी सोडून केरी वाठारांत रावंक गेलीं.

जिवबादादाचें मुळावें शिक्षण घरचेघराच जालें. उपरांत 16 व्या वर्सा फुडलें शिक्षण घेवंक तो कोल्हापुराक गेलो. थंय एका पंडिताकडेन घरकाम करून



संस्कृताचो अभ्यास करूंक लागलो, थंयच ताका व्यायाम करपाची संवय जाली.

एका वर्सा उपरांत तो पुण्यांत वचून पेशव्याचो सरदार बर्वेहांगेर रावंक लागलो. बर्वेहाचे वतीन ताका पेशव्यागेर बाकनीस म्हूण नोकरी मेळ्ळी. बर्वेमरतकच जिवबादादाक ताच्या पथकाचो मुखेल म्हूण नेमलो. तो पिरायेच्या 21 व्या वर्सा आपलें पथक घेवन सदाशिवराव भाऊ हाच्या वांगडा उत्तरेक गेल्लो. पानिपतच्या झुजांत ताणें बरोच पराक्रम केलो. उपरांत नानासाहेब पेशवो हाणें महादजी शिंदे हाका उत्तरेच्या सुभेदाराची वस्त्रां दिवन जिवबादादाक ताचे वांगडा धाडलो. जिवबादादाचो पराक्रम आनी बुदवंतकाय पळोवन ताका महादजी शिंदे हाणें मुखेल सेनापतीची सुवात दिली.

राजपूत आनी जाट हांचें वांगडा जाल्ल्या शिंद्यांच्या झुजांत, तेचपरी रामभाऊ पटवर्धन हाचेंवांगडा टिपूकडेन जाल्ल्या झुजांतूय ताणें बरोच पराक्रम केलो. सुभेदार गुलाम कादर जेन्ना दिल्लीचेर चाल करून आयलो तेन्ना दिल्लीचो बादशाह शाह अलम हाणें शिंद्यांकडेन आदार

मागलो, ते वेळार जिवबादादा हाणें तोखणायेची कामगिरी करून बादशाहाक जैत मेळोवन दिलें. तेन्ना बादशाहान शिंद्याक वजिरी दिवन ताच्या सरदारांक, जिवबादादा आनी लखबादादा हांकां 'बक्षी बहाद्दर फत्तेजंग' आनी 'समशेरजंग बहाद्दर' अशे किताब दिले.

जिवबादादाच्या आदारानूच शिंद्यान दिल्लीची वजिरी केली आनी उपरांत बादशहाक वर्साक 9 लाख खंडणी दिवन दिल्ली - आग्रा हो वाठार आपल्या राज्याक जोडलो. महादजी शिंदे हाचेकडेन, ताचो उजवो हात म्हूण तो अखेरेमेरेन प्रामाणीक रावलो. तेंचपरी पुण्यांत वा हेर खंयचेकडेन वतना राज्याचो कारभार जिवबादादाचेर सोंपोवपाइतलो महादजी शिंदे हाचो विश्वास जिवबादादा केरकार हाचेर आसलो.

फुडें निजामाचेर हल्लो करपाचो विचार, जिवबादादान श्रीमंत माधवराव हाका सुचयलो. माधवरावान दरबार भरलो आनी निजामाचेर स्वारी करपाचें थारायलें. पूण कोणूच फुडें सरलो ना. तेन्ना जिवबादादान ती कामगिरी आपल्या आंगार घेतली. तातूंत ताका यश मेळिल्ल्यान माधवरावान ताका रत्नजडीत तलवार आनी वज्राची मुदी दिली. सवाई माधवराव हाच्या मरणा उपरांत बाजीरावाक पेशव्यांचे गादयेर बसोवपाचो ताणें यत्न केलो. ह्या वेळार तो जांबगांव हांगा आसलो तेन्ना थंयच जोराचें निमित्त जावन ताका मरण आयलें.

1761 ते 1796 काळ मेरेन ताणें सुमार 175 झुजां केल्ल्याची नोंद मेळटा.

जिवबादादान राजपूतवीरांची परंपरा मराठा फौजेंत चलयली. सन 1761 ते 1796 मेरेन 35 वर्सां तो शिंद्यांचे सेनापती आनी मुखेल सल्लागार आसलो. केरी वाठारांतल्या श्रीदेव रवळनाथाचे देवूळ ताणेंच बांदिल्लें.

- **सं. मं.**

**केरकार, यशवंत** : (जल्म - 21 फेब्रुवारी 1914, बाग, केरी - पेडणे, गोंय, मरण - 18 डिसेंबर 1989)

गोंयचो नामनेचो तबला वादक. ताचो बापूय एक नामनेचो तबलजी आसलो. पिरायेच्या 8 व्या वर्सा तिसरेंत शिकता आसतना लागसारच्या सुवातिंनी जीं नाटकां जातालीं. थंय तो नेमान वतालो. थंय नाटकांत तबलें वाजयताले, तें आयकून आपणेंय तबलें वाजोवचें अशी ताका उमेद येताली. 1922 वर्सा भास्कर शेट कांसार हाच्या घरांत संगीत नाटकाच्यो येसायो चलताल्यो. तेन्ना 8 वर्सा पिरायेचो यशवंत त्या घराच्या भायर रावन, खासकरून तातुंतल्या तबलजीचें तबलावादन आयकतालो. एक दीस कोण ना तो पळोवन यशवंत भितर सरलो आनी तबलें वाजोवपाक लागलो. तेन्नाच कार्यक्रमाचे जाळवणदार थंय पावले आनी ताका लागसारकीं उतरां दिलीं.

ह्या प्रसंगान अंतर्मुख जावन ताणें एक फिशाल तबलजी जावपाचो खर हावेस बाळगिलो. गोंयांत गोपीनाथ मंगेशकार हाचें कडल्यान ताणें तबला वादनाचें मुळावें शिक्षण घेतिल्ले.

प्रत्येक सोमाराक मंगेशी देवळांत जेन्ना गायन आसतालें, तेन्ना यशवंत तबल्याचेर साथ दितालो. एक दीस मा. दीनानाथ थंय आयिल्लेकडेन ताणें ताच्या हाताचें कसब पळेलें आनी रोखडोच ताका आपल्या बळवंत संगीत नाटक कंपनींत घेतलो (1933) मा. दीनानाथावांगडा गोंयाभायर वचून ताणें वल्लेमामा हाचेंकडेन तबला वादनाच्या उच्च शिक्षणाक सुरवात केली. उपरांत ताणें पंडीत कागूराव मंगेशकार, पंडीत सुब्राय अंकोलकार, खाँसाहेब तिरखवां मिरतवाले, उस्ताद अमीर हुसेन, उस्तान हवी बुधईन खाँ, उस्ताद शमशुद्दीन खाँ आनी खलिफा अमीर हुसेन हांचे कडल्यान तबलावादनाच्यो तालमी घेतल्यो. तेंचपरी खाप्रूमाम पर्वतकार हाचे कडल्यानूय ताणें लयकारिच्यो खुबी आत्मसात केल्यो. उपरांत ताणें मिरतवाले खाँ हबीबुद्दीन हाचो गंडो बांदून अजराडा बाजाची तालीम घेतली. फुडें दिल्लीचो बाज हातांत येवचो म्हूण गॉमेखाँ हाचो गंडो

बांदून 12 वर्सा त्या बाजाची तालीम केली.घुम्मन खाँ हाचेंकडल्यान ताणें ठुमरी, गझल आनी कव्वाली ही सुगम संगिताची आंगा शिकून घेतलीं. कथ्थक नाचाक बरे तरेन साथ मेळची म्हण ताणें पंडीत जयलाल जयपूरवाले, पंडीत सुंदरलाल, प्रतापलाल, कुंदनलाल, धनलाल आनी पंडीत लच्छुम्हाराज हांचेकडेन ते, ते तरेचें शिक्षण घेतलें. खाँ साहेब अब्दूल करीम खाँ, केसरबाय केरकार, गंगुबाय हंगल, मेनकाबाय शिरोडकार, अंजनीबाय लोलयेंकार, सुशिला टेंबे, मोगुबाय कुर्डोकार, किशोरी आमोणकार, पंडित सवाई गंधर्व, खाँ साहेब विलायत हुसेन, उस्ताद अनमत हुसेन, उस्ताद खादीम हुसेन, पंडित जगन्नाथ बुवा पुरोहित आनी हेर कितल्याश्याच उंचेल्या पावंड्यावेल्या कलाकारांक ताणें तबल्याची साथ दिला. तेचपरी सुमार 300 शिश्यांनी ताचें कडल्यान वादनांचें शिक्षण घेतलां. ह्या ताच्या शिश्यगणांत गोंयचे नामनेचे तबलावादक प्रभाकर च्यारी आनी तुळशीदास नावेलकर हांचो आस्पाव जाता.

सुर्वेक तो आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर आर्टीस्ट (तबलें) म्हूण काम करतालो. उपरांत गोंयांत कला अकादमी संगीत महाविद्यालयांत तबला शिक्षक म्हूण 2 वर्सा ताणें कलाकारांक मार्गदर्शन केलां.

**- सं. मं.**

**केरकार, सुरेश अनंत :** (जल्म : सप्टेंबर 1932, केरी - फोंडे; मरण : 17 फेब्रुवारी 1957)

गोंयचो सुटके झुजारी. फोंडें हांगा आशिल्ल्या एका फस्कां कारखान्यांत तो वावर करतालो.

गोंय सुटके चळवळिच्या वेळार 'गोंय सुटके सैन्य' (Goa Liberation Army) संघटनेचो तो वांगडी आसलो. कामीलो पैरैरा हाचेंवांगडा ताणें फोंडें तालुक्यांत आशिल्ल्या पोर्तुगेज लश्कराक कुट्टी सांवन उदक हाडपी पायप लायनीक स्फोट घडोवन हाडपाचो बेत आखिल्लो. 17 फेब्रुवारी 1957 दिसा स्फोट घडोवन हाडपाक गेल्लेकडेन पोर्तुगेज पोलिसांनी ताका आनी ताच्या साथीदाराक गुळी घालून जितो मारलो.

18 जून 1985 दिसा गोंय सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**केरकार, सोनाबाई चिमाजी :** (जल्म - 9 नोव्हेंबर 1880, गोंय, मरण - 17 जुलै 1895).

गोंयची एक आदल्या काळांतली स्त्री नाटक लेखिका. गोंयच्या एका सधन कलावंतिणिच्या घरांत तिचो जल्म जालो. ल्हान पिरायेतच तिच्या आवयन शिक्षणाखातीर तिका मुंबयत धाडली. मुंबयच्या मिशन शाळेंत तिचें मुळावें तशेंच माध्यमिक शिक्षण जालें. विद्यार्थी वयातच तिचें वाचन भरपूर आसलें. शाळेंतलें एक हुशार चली म्हण तिचें नांव गाजतालें. माध्यमीक शाळेंत शिकता आसतनाच ती दुयेंत पडली. कितलेशेच वैजकी उपाय करूनय उपयोग जालो ना आनी 14 व्या वर्सा तिका मरण आयलें.

विद्यार्थिनी आशिल्लें तेन्ना तिणें 'संगीत संभाजी' (1893-94) हें नाटक बरोवन पुराय केल्लें आसलें. तें मुखार तिच्या घरच्यांनी उजवाडाक हाडलें. स्त्री नाटककाराचें हें पयलें वयले नाटक. तातुंतली गिता, संभाशणां बरींच गाजलीं.

ह्या नाटकाचें नांव, कथानक, पात्रांची नांवां घटनाक्रम, आत्माराम मोरेश्वर पाठारे हाणें बरयल्ल्या 'संगीत संभाजी' (1991) ह्या नाटका नांवाकडेन कथानकाकडेन, पात्रांकडेन आनी घटनाक्रमाकडेन साम्य दिशिल्ल्यान सोनाबायन हें नाटक पाठारे हाच्या नाटकाच्या आदारान बरयलां अशें कांय जाणांचें मत जाल्लें पूण दोनूय नाटकांमदीं रचनेंत आनी तपशिलांत फरक आसून पाठाऱ्यांच्या नाटकांतली रचना सोनाबायच्या नाटकाच्या रचनेपरस चड काळाशेची

आसा. सोनाबायच्या नाटकाचे संवाद आनी पदरचना शृंगारप्रधान दिसता

- **सं. मं.**

**कॅरम :** एक बैठो खेळ. चवकोनी आकाराच्या बोर्डाचेर घुलो मोखून, घुल्यो मिलांनी (बुराकांनी) उडोवन खेळपा सारकें ह्या खेळाचें स्वरूप आसा. ह्या खेळाचो जल्म भारतांत जाल्लो. कलकत्ता हांगा खेळांच्या साहित्याचो वेपार करपी 'कार' आनी 'महालानोबीस' हे कंपनीच्या नांवांतल्या इंग्लीश आद्याक्षरांवेल्यान 'कॅरम' ह्या नांवान ताणें हो खेळ प्रचारांत हाडलो. हो खेळ सगळेकडेन खेळटात.

हो खेळ दोन वा चार खेळगडे खेळटात. ह्या खेळाखातीर 75.25 x 75.25 सेंमी चवकोनी आकाराचो बोर्ड वापरतात. ह्या खेळांत 19 घुलो आसतात, त्यो अश्यो : 9 धव्यो, 9 काळ्यो आनी 1 तांबडी. तांबडे घुलयेक 'राणी' (क्वीन) म्हणटात. घुलांचो व्यास 2.54 सें.मी. आनी दाटाय 3 मिमी. परस मात्शी कमी आसता. त्यो निबर लाकडांपसून करतात.

घुलो मोखपाखातीर 'स्ट्रायकर' आसता, तो प्लास्टिकचो, हस्तिदंताचो वा शिंगांचो आसता. तो



घुलांपरस दाट, 3.8 सेंमी व्यासाचो आनी वजनदार आसता. खेळटा आसतना घुलो बोर्डाचेरूच उरच्यो, म्हणून बोर्डाक चारूय वटांनी लाकडाची पट्टी बसयल्ली आसता. हे पट्टेपासून 10 ते 12.5 सेंमी. वयर चारूय वटांनी समांतर दोन वळी काडिल्ल्यो आसतात. ह्यो वळी कोनांकडेन जोडिनासतना, थारावीक अंतर सोडून तांच्या सगळ्या कोनशांचेर 2.54 व्यासाचीं वर्तुळां काडिल्लीं आसतात. दोनूय वटांच्या वर्तुळांत एक अर्दवर्तूळ काडून, तांच्या मदल्यान बोर्डाच्या मध्यबिंदू कडेन वचपी एकेक बाण काडिल्लो आसता. हे बाण त्या त्या वळिंच्या खेळगड्याची मर्यादा दाखयतात. बोर्डाच्या चारूय कोनशांत 5.08 सेंमी व्यासाचे वांटकुळे बुराक आसतात. तांच्या तोंडाक जाळयेच्यो पोतयो लावन घुलो सांबाळपाची तजवीज केल्ली आसता.

बोर्डाच्या मध्यबिंदू भोंवतणी 2.54 सें.मी. वर्तूळ काडिल्लें आसता. ती राणयेची राखीव सुवात आसता. ह्या वर्तुळाच्या भायर जे 15.24 सें.मी. व्यासाचें वर्तूळ आसता, तातूंत 9 धव्यो आनी 9 काळ्ये घुलो एका फाटल्यान एक मांडटात. घुलो मांडटकच खेळगड्यान आपले वटेनच्या दोन वळिंचेर 'स्ट्रायकर' दवरून ती मांडावळ फोडली म्हणटकच खेळ सुरू जाता. खेळगड्याची घूल घरांत वचना जातकच ताचो डाव वता आनी प्रतिस्पर्ध्याक खेळूंक मेळटा. अशे तरेन आरतून - परतून खेळ खेळटात.

एकट्याच्यो सगळ्यो घुलो आनी राणी घरांत वतकच डाव सोंपता ताका राणयेचे पांच गूण आनी प्रतस्पर्ध्याच्या उरिल्ल्या घुलांइतले गूण मेळटात. एकूण डाव 29 गुणांचो आसता. ज्यो खेळगड्याचे 29 गूण पयलीं जातात त्या खेळगड्याचें जैत जाता. कॅरम सर्तींत असल्या तीन डावांतले दोन डाव जिखपी जैतिवंत थारता. कॅरमाच्यो सर्ती जिल्लो, राज्य आनी अखिल भारतीय पातळेचेर जातात. तेभायर हो खेळ क्लबांनी, बारांनी, गाडयांनीं खेळटात. क्लबांनी, बारांनी, गाड्यांनी कांय दादले पयशे लावनूय खेळटात.

हो खेळ साधारण 6 वर्सां पिरायेंच्या भुरग्यांनी लेगीत खेळूं येता. ल्हान भुरग्यांखातीर ल्हान मापाचो बोर्ड आसता. तशेंच, जाणटे पिरायेच्या मनशान हो खेळ खेळूं येता. हो खेळ चलो, चली, दादलो, बायल सगळ्यांक खेळूंक मेळटा.

- सं. मं.

**केरळ कोंकणी अकादमी :** केरळ राज्यांतली, कोची शारांत 1980 च्या एप्रील म्हयन्यांत स्थापन जाल्ली, कोंकणीचो वावर करपी एक संस्था. 13 आनी 14 ऑक्टोंबर 1979 दिसांनी केरळांतले कोंकणी प्रेमींनी कोचीनच्या टावन हॉलांत अखिल केरळ कला साहित्य संमेलन घडोवन हाडिल्लें. ह्या संमेलनांत वांटो घेतिल्ल्या लोकांनी कोंकणी भास, साहित्य आनी कलेची उदरगत सादपी एक जात - धर्म विरयत प्रतनिधीक अशी अधीकृत संस्था घडोवची असो प्रस्ताव मांडलो. संमेलनाचे समारोपाचे कार्यावळींत अशी संस्था निर्माण करपाच्या निर्णयाची घोशणा जाली.

'कोंकण जनता' नांवाच्या म्हयन्याळ्याचे तेन्नाचे संपादक आर. सुभाषचंद्र प्रभू हाच्या अध्यक्षतेखाला एक अस्थायी समिती घडयली आनी हे समितिचे वतीन केरळ कोंकणी अकादमीची एप्रील 1980त, ट्रावनकूर - कोची सायंटीफीक अँड चॅरिटेबल एक्टाखाला, तिची रितसर नोंद जाली. कांय मानेस्तांनी हे संस्थेवतीन दिवपाक कांय पुरस्कार दवरल्यात. ''पंढरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार, हो साहित्याखातीर आशिल्लो पुरस्कार आसा आनी तो डॉ. पी. बी. जनार्दन हाणें आपल्या बापायच्या नांवान दवरला. तशेंच ताणें विद्यालय आनी महाविद्यालय पांवड्या वयल्या विद्यार्थ्यां खातीर दोन साहित्य पुरस्कार अकादमी वतीन दवरल्यात.

कोच्ची तिरुमल देवस्थानाच्या प्राथमीक शाळेंतल्या कोंकणी भुरग्यांखातीर जी. एस. धारासींग हाणें आपली आवय, बापूय आनी बायलेच्या नांवान तीन पुरस्कार दिवंक अकादेमीकडेन स्थायी देणग्यो दवरल्या. तशेंच कोंकणी नाटक, कोंकणी संगीत सर्ती खातीर अकादेमीन पुरस्कार दवरल्यात.

केरळ कोंकणी अकादमी ही केंद्रीय साहित्य अकादमीची मान्यताय आशिल्ली केरळांतली एकमेव संस्था आसा आनी केंद्रीय साहित्य अकादमीच्या पालवान तिणें कथा, कविता, अणकार अशा साहित्य प्रकारांचेर परिसंवाद, कार्यशाळा, कथा कविता संमेलनां आयोजीत केल्यात. ऑगस्ट 1996 त कोचींत जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचें तेरावे अधिवेशन केरळ कोंकणी अकादमीन आयोजीत केल्ले.

प्रा. आर. के. राव हो अकादमीचो पयलो अध्यक्ष आनी एच्. बी. शणै हो पयलो सचीव, पी. मनोहर होय पयलो संयोजक आनी शेट बलराज हो पयलो खजिनदार जालो.

कोंकणी भास, साहित्य आनी कलेची उदरगत सादपाचें उद्दीश्ट दवरिल्ले हे संस्थेवतीन दर वर्सा जायते उपक्रम यशस्विपणान चलयल्यात. आतां मेरेन कवी संमेलनां, कथा संमेलनां, साहित्यविशयक कार्यशाळा, परिसंवाद अशे उपक्रम वेगवेगळ्या सुवातिंनी आयोजीत करून कोंकणीची सेवा केल्या.

1980 सांवन अकादमीन पुस्तक प्रकाशन हो नवो उपक्रम हातांत घेतला. अंबलपुष्पा प्रदेशांतली कवियत्री जी. कमलाबाळ रचीत आनी पय्यनूर रमेश पै हाणें देवनागरी लिपींत संपादीत कोंकणी म्हाकाव्य 'रघुरामायण' पुस्तकाचें प्रकाशन करून ह्या उपक्रमाक सुरवात जाली. उप्रांत अकादमीन 26 कोंकणी पुस्तकां प्रकाशीत केल्यांत.

अकादमीवतीन कोंकणी उपक्रमाक प्रोत्साहन कोंकणी अकादमीच्या यजमनपणा खाला जालें. 2007 वर्सा अकादमीन राश्ट्रीय पावंड्या वयली लेखक मेळावो घडोवन हाडलो. 2006 वर्सा अकादमीन आपलो रुप्या उत्सव, जायत्यो कार्यावळी आयोजीत करून मनयलो.

केरळ सरकाराच्या शिक्षण विभागान कोंकणीक तिची

स्वताची लिपी ना म्हणून सांगून, केरळांत कोंकणी शिक्षणाक आडखळ हाडली तेन्ना, केरळ कोंकणी अकादमीन फुडाकार घेवंन, केरळ सरकाराची चूक दाखोवन दिली, आनी देवनागरी ही कोंकणीची सभावीक लिपी हें सरकाराक मानून घेवंक लायलें.

कोची वाठार तशें केरळांतल्या हेर कोंकणी वाठारांतल्या कोंकणी मनशांक कोंकणीचें जनजागरण करपाचो अकादमीचो वावर सतत चालू आसा

**केरळ कोंकणी अकादमीचीं प्रकाशनां :**

1. रघुरामायण (काव्य) जी. कमलम्माळ
2. श्रद्धांजली प्रतिनिधीक
3. भगवद्गीता (अणकार) बी. वी. बाळिगा
4. किरकिर (कविता) पी. एन. शिवानन्द शेणै
5. घालोलो घास (कविता) रत्नाकर आनन्द शेणै
6. काणियां झेलो (कथा) डी. विश्वनाथ मल्ल्या
7. म्हण्यां सोरू (म्हण्यो) आर. एस. प्रभु
8. आनन्दाचीं पदां (कविता) आनन्दन एन. एन.
9. कथा संग्रह (कथा) प्रातिनिधीक
10. कविता संग्रह (कविता) प्रातिनिधीक
11. पृथिवै नमः (नवलिका) के. गोकुलदास प्रभू
12. फुलां माळा (कविता) वत्सला एम. राव
13. लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन
(सोद) पी. जी. कामत
14. गीत रामायण (प्रबंध) बी. वी. बाळिगा
15. भगवद्गीतेक अवतारिका
(प्रबंध) पी. जी. कामत
16. सारोंपदेशाच्यो काणयो
(धार्मीक) श्री. सुधीन्द्रतीर्थ स्वामिजी
17. काव्यधारा (कविता) वत्सला एम. राव
18. बसवेश्वर वचनामृत
(धार्मीक) प्रा. एम. माधव पै
19. अक्षरां (कविता) प्रा. के. आर. एस. भास्कर
20. भांगरा दांत (कथा) प्रो. के. आर. वसन्तमणी
21. केरळांतलें कोंकणी
साहित्य (परिसंवाद) प्रातिनिधीक
22. भरतपुराचो भरतमास्तर
(नाटक) के. रमेश कामत
23. चांगपणाची सांत
(कविता) पी. एन. शिवानन्द शेणै
24. साहित्य संकलन प्रातिनिधीक
25. नक्षत्रां (कविता) आर. एस. भास्कर
26. साहित्य पंचक प्रातिनिधीक

- सुरेश ए. शणै

**केरीकर, विठ्ठल नृसिंह**

**(सांखोळकार दुपाटी विठ्ठल)** :18 व्या शतमानांतलो एक गोंयचो मराठी कवी. पेंडणे तालुक्यांतलो केरी हो ताचो गांव. ताच्या जल्माविशीं पुराय माहिती मेळना. तरी तो सोहिरोबा आंबिये (1714-92) आनी महेश्वरशास्त्री सुखटणकार (1719-1817) हांच्या काळांतलो आसा अशी गवाय मेळटा. काव्य संग्रहकारांनी 'महाराष्ट्र कवी विठ्ठलकृत कवितासंग्रह' नांवाचो एक ग्रंथ उजवाडाक हाडलो. ह्या ग्रंथात विठ्ठलाच्यो तीन कविता आसल्यो. हे तिनूय विठ्ठल वेगवेगळे आसात हें दाखोवपातीर एकट्याक विठ्ठल बिडकर, दुसऱ्याक विठ्ठल दिक्षित आनी तिसऱ्याक विठ्ठल केरीकार अशीं नांवां दिलीं. ताचें मुळचे खरें उपनांव नाईक सांखोळकर. पूण केरीकार हेंच नांव ताका रूढ जालें.

केरीकर एक खांपो पंडीत आसलो. काशीच्या पंडितांनी मानपत्र आनी बसपाखातीर दोन पाट दिवन ताचो भोवमान केल्लो. देखून ताका 'दुपाटी विठ्ठल' ह्याय नांवान वळखताले. ताणें शुकरंभासंवाद, कबीरकथा आनी वामनचरित्र अशीं तीन आर्याबद्ध प्रकरणां बरयल्यांत. तेंचपरी ताणें कांय पदांय बरयल्यात. तातुंतली 60 पदां काव्य संग्रहांतल्यान उजवाडाक आयल्यांत. पणजेच्या म्हामाय कामत हाच्या घरांत मेळिल्ल्या

'संतकृपा' नांवाच्या एका बाडांत 'पदे विठ्ठल नृसिंहाची' ह्या माथाळ्याखाला 101 पदां मेळ्ळ्यांत. ताणें सुमार 3040 गवळणी बरयल्यात. ताच्या आर्यांचेर मोरोपंताचो प्रभाव पडला. मोरोपंत हो विठ्ठल केरीकार हाच्या काळांतलो आसून ताचे हयातींत मराठी किर्तनकार ताच्यो आर्या म्हण्टाले. हे कीर्तनकार गोंयांत येताले. तातुंतल्यान वा हेर खंयच्याय प्रकारान केरीकराक मोरोपंताच्या आर्याची वळख जाली आसूं येता आनी तांचो प्रभाव ताचेर पडूं येता. ताच्या आर्यांचेर जसो मोरोपंताचो प्रभाव पडला तसोच ताच्या पदांचेर अमृतराय, देवनाथ, गोविंद वणीकर हाचो प्रभाव पडला. तेचपरी ताणें बरयल्ल्या गवळणींचेर एकनाथाचो प्रभाव पडला.

ताणें बरयल्ली एक भुपाळी (घनश्याम सुंदरा) जी नामनेचो मराठी शाहीर होनाजी बाळ हाची भुपाळी म्हणून मान्यता पाविल्ली. घनश्याम सुंदरा ही कलाकृती विठ्ठल केरीकर हाची आसा अशें गोंयचे नामनेचे कवी सर्गेस्त दा. आ. कारे हाणें पुराव्यासयत सिद्ध केलां. दा. अ. कारे हाणें विठ्ठल केरीकर आनी होनाजी बाळ हाच्या कवितांचो तुलनात्मक अभ्यास आनी दोगांयच्या कार्यकालाचें कोश्टक मांडून अशें अनुमान काडला की, घनश्याम सुंदरा ही लोक मान्यताय पाविल्ली भुपाळी मुळांत केरीकाराची आसा आनी होनाजी बाळ हाणें शब्दांत थोडोसो बदल करून ती आपल्या नांवान उजवाडायली.

दोनांय भुपाळींचे एक एक कडवें हांगा दिलां.

विठ्ठल नृसिंह हाचें कडवें

**घनःश्याम सुंदरा माधवा अरुण उदय झाला**
**उठि लवकरि वनमाळी उदयाचळीं मित्र आला ॥धृ॥**
**घरोघरी दीप अखंड त्याच्या सरसाउनि वाती**
**गीत गाति गोपिका नंदसदनासि येतीं जातीं**
**प्रवर्तुनि गृहकाम रंगमाळा घालूं पाहती**
**आनंदकंदा प्रभातसमयो उठ सरली राती**
**काढिति धारा क्षीरपाने धेनू हंबरताती**
**द्वारि उभे गोपाळ तुजला हांक मारुं पाहती**
**सुमनहार वनमाला कंठीं लेयीं गुंजमाळा**
**हातीं बेतकाठी बरवा कांबळा घेइं काळा**
**जगजीवना मधुसूदना मनमोहना जगत्पाला**
**क्षुधित बहु वासरें धेनुच्या स्तनिं पान्हा आसा ॥2॥**

होनाजी बाळ हाचें कडवें

**घनःश्याम सुंदरा श्रीधरा अरुणोदय झाला**
**उठिं लवकरि वनमाळी उदयाचळ मित्र आला ॥धृ॥**
**घरोघरीं दीप अखंड त्याच्या सुरसावुनि वातीं**
**गीत गाति सप्रेमें गोपी सदना येती जाती**
**प्रवर्तोनि गृहकामीं रंगावळि घालुं पाहती**
**आनंदकंदा प्रभात झाली उठ सरली राती**
**काढीं धार क्षीरपात्र घेऊनि धेनू हंबरती**
**द्वारिं उभे गोपाळ हाका मारुन तुज पाहती**
**हे मुक्ताहार कंठिं घालिं या रंगमाळा**
**हातीं वेत्रकाष्ठ बरवें कांबळा घेईं काळा**
**मम आत्मज मधुसूदना हृषकेशि जगत्पाला**
**लक्षितातिं वासुरें हरि धेनुस्तनपानाला ॥2॥**

- सं.

**कॅलिकट : पळयात → कोझीकोड**

**केशवसुत :** (जल्म- 7 ऑक्टोबर 1866, मालगुंड - रत्नागिरी, मरण - 7 नोव्हेंबर 1905, हुबळी - कर्नाटक)

कोंकणांतलो एक नामनेचो मराठी कवी. ताका आर्विल्ल्या मराठी कवितेचो प्रवर्तक अशें मानतात. कृष्णाजी केशव दामले हें ताचें मूळ नांव. 'केशवसुत' हें लिखणेनांव ताका तेन्नाच्या 'काव्यरत्नावली' म्हयन्याळ्याचो संपादपी नारायण फडणीस हाणें दिलें. ह्याच नांवान तो लोकांमुखार आयलो. खेड, बडोदा, वर्धा, नागपूर आनी पुणे ह्या शारांनी ताचें शिकप जालें. शिकतासतनाच 1880 वर्सा ताचें लग्न जालें. उपरांत 1889 वर्सा मॅट्रिकची परिक्षा पास जातकूच 1897 मेरेन ताणें कांय सुवातिंनी तात्पुरत्यो अशो नोकऱ्यो केल्यो.



त्या काळांत मुंबय हांगा प्लेग रोगाची साथ आयिल्ली म्हूण मुंबय सोडून तो खानदेश वाठारांत रावपाक गेलो. सुर्वेक ताणें मडगांव हांगाचे नगरपालिकेचें शाळेंत शिक्षकाची नोकरी धरली. उपरांत 1901 वर्सा फैजपूर हांगाचे शाळेचो मुख्याध्यापक म्हूण काम केलें. मुखार 1904 त, ताणें धारवाड हांगा सरकारी शाळेंत मराठी शिक्षकाचें काम केलें.

ताणें भुरगेपणासांवन कविता बरोवपाक सुरवात केल्ली. मात 1885 सावन 1905 ह्या काळांत खऱ्या अर्थान कवी म्हूण तो लोकांमुखार आयलो. काव्य हेंच ताचें जिणेचें उद्दिश्ट जावन आसलें. आपल्या खुबशा कवितांनी ताणें नवे प्रयोग करपाचो यत्न केलो आनी तातूंत ताका पुराय यस आयलें. संस्कृत आनी मराठी कविंच्या कवितांपरस, इंग्लिशिंतल्या स्वच्छंदतावादी मनोवृत्तिच्या वर्डस्वर्थ, शेली, कीट्स ह्या कविंचो ताच्या कवितांचेर खूब प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा.

केशवसुताच्या कवितांतल्यान व्यक्तिगत आत्माविश्काराचें दर्शन घडटा. मनशांमदले मोगाळ संबंध, दादल्या-बायलांमदले मोगाचे धागे, सैम, सामाजीक बंडखोरी आनी गूढ अशीं साक्षात्कारी जाणविकाय हे ताचे कवितेचे विशय जावन आसात. ताचे कवितेवरवीं ताची मेकळी मनोवृत्ती नदरेंत भरता. हे मेकळ्या स्वच्छंद मनोवृत्तिच्या अविश्काराक लागून मराठी कवितेंत क्रांती घडून आयली. फुडले पिळगेंतल्या कविंनी आपले नवे कवितेंत हाचो मोट्या प्रमाणांत उपेग केलो. ताच्या 'भृंग' (1890), 'पुष्पापत्र' (1892) आनी 'फुलपाखरू' (1900) ह्या कवितांतल्यान सैमाचें दर्शन घडटां. 'तुतारी' (1893), 'नवा शिपाई' (1898), 'गोफण केली छान' (1905) ह्या कवितांतल्यान ताचे क्रांतिकारक समाजीक विचार दिसून येतात. स्वतंत्रताय, समानताय, बंधुत्व आनी विशाल मानवतावाद ह्या तत्वांचेर आदारून केशवसुतान आपली कविता घडयली.

गूढ अशा अणभवाची नवलायेन केल्ली अभिव्यक्ती ताच्या कांय कवितांतल्यान दिश्टी पडटा. ताची 'झपूर्झा' ही अशीच एक गूढ अणभवान भरिल्ली कविता खूब गाजली. ताच्या हेर गूढ-गुंजनात्मक कवितांनी 'म्हातारी' (1901) आनी 'हरपले श्रेय' (1905) ह्या कवितांचो आस्पाव जाता.

केशवसुताची काव्यशैली खुबशी रांगडी आनी राकट जावन आसा. देखून आदल्या पंडीत कविंची अलंकारीक सया तातूंत चडशी दिश्टी पडना. केशवसुतान कविता बरयता आसतना अक्षरगणवृत्तापरस मात्रागणवृत्तांचो चड उपेग केलो. इंग्लीश साहित्यांतल्या 'सॉनेट' ह्या छंदप्रकाराचो मराठी कविता बरपावळींत सगळ्यांत पयलो उपेग केशवसुत हाणें केलो. आपल्या काव्यांत ताणें कांय नव्या मात्रावृत्तांचोय उपेग केलो. ताणें कांय इंग्लीश कविताय बरयल्यात. ताणें एक नाटकूय बरयल्लें, पूण तें उजवाडाक आयलेंना.

केशवसुताल्यो कविता ताच्या मरणाउपरांत, 1916 त, हरि नारायण आपटे हाणें उजवाडाक हाडल्यो. गोविंदाग्रज, बालकवी, रेंदाळकर, काव्यविहारी

हांच्यासारके नामनेचे कवी आपणाक केशवसुताचे शिश्य समजताले. केशवसुताच्या कांय कवितांतल्या क्रांतिवादी विचारांचेर खूब वाद जालो. केशवसुताचे प्रतिभाशाली कवितेचो प्रभाव फुडले नवे कवी पिळगेचेर पडलो. 1966 वर्सा, महाराष्ट्र सरकारान केशवसुताची जल्मशताब्दी व्हडा दबाज्यान मनयली.

**- सं. मं.**

**केशवैन, शेषगिरी नारायण :** (जल्म - 22 मार्च 1889, माळगी - कर्नाटक, मरण - 21 सप्टेंबर 1964)

सहकार मळावयलो एक नामनेचो जाणकार, स्वतंत्रताय संग्रमांतलो फुडारी आनी समाजसेवक. बापयचें नांव रामचंद्रराव आनी आवयचें नांव रुक्मिणीबाय. मुळा नक्षत्राचेर जल्म जाल्ल्यान ताच्या आवय-बापायन ताका केशवैन घराण्याक पोसको दिल्लो. पूण तो त्या घराण्यांत येवचेपयलींच ताचो पोसको बापूय नारायण राव हाका मरण आयिल्ल्यान ताका सांबाळपाची आनी ताच्या शिक्षणाची जापसालदारकी ताची पोसकी आवय पद्मावतीबाय आनी आजी लक्ष्मीबाय हिणें सांबाळ्ळी.

शिरसी - कारवार हांगा ताचें शिक्षण जालें. 1905 वर्सा तो मॅट्रीक पास जालो. घराण्याची जापसालदारकी पडिल्ल्यान तो फुडें शिकूंक पावलो ना. आपल्या शेताभाटांची देखरेख करून ताणें वेपाराक सुरवात केली, पूण वेपारांत बरेंच लुकसाण जाल्ल्यान तो सोडून दिलो. 1905 त 'धी शिरसी रूरल क्रेडिट सोसायटी'चो तो चेअरमन जालो. 1913 त ताणें 'धी शिरसी अर्बन बँक' स्थापन केली. 1964 मेरेन ते बँकेंत चेअरमन, डायरेक्टर, मॅनेजिंग डायरेक्टर ह्या पदांचेर तो आशिल्लो. ताणें आपल्या वावरान हे बँकेक नामना मेळोवन दिल्ल्यान लोक शिरसी अर्बन बँकेक 'केशवैन बँक' अशें म्हणूंक लागले. हे बँकेच्या सभाघराक 'केशवैन सभाघर' अशें नांव दिलां. ताच्या मरणाउपरांत बँकेच्या दारांत ताचो उर्दपुतळो उबारलो.

केशवैन विचारांनी गांधीवादी आशिल्लो. हरिजनसेवक संघाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें बरोच समाजीक वावर केलो. बरींच वर्सां तो रयत संघाचो (Agriculturists' Association) अध्यक्ष आशिल्लो.

स्वतंत्रताय चळवळींत ताणें मोलाचो वावर केलो. श्री मारिकांबा देवळांत मोनजातिची हिंसा करपाची जी प्रथा आशिल्ली, ती ताणें बंद केली. 1937 त गांधीजीच्या आदेशाप्रमाण तो काँग्रेस प्रतनिधी म्हूण वेंचून आयलो. गांधीजीन उलो मारल्या उपरांत ब्रिटीश सत्तेआडच्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो आनी बंदखण भोगली. स्वतंत्रताये उपरांत ताणें आपल्या भोंवतणच्या वाठारांत शिक्षणसंस्थांची थापणूक करपाखातिरूच वावर केलो. बऱ्याचशा हेर संस्थांकडेनूय ताचो संबंध आशिल्लो.

**- सं. मं.**

**केसरव्हाळ झर :** दक्षीण गोंयांतली एक वखदी गूण आशिल्ली झर. ही झर वेर्णा पठाराचेर आसून तिचो तळपापोंदच्यान सैमीक रितीन उगम जाला. तिचें भोंवतणी सैमीक रितीन वेगवेगळी रुखावळ आसून हो परिसर म्हणजे एक सुंदर, पाचवो सैम देखावो जाला. पावसाळ्यांत उदकाचें प्रमाण चड जावंन हे झरिची सोबा आनीकय वाडटा.

हे झरिचें खाशेलेंपण म्हणजे, तिच्या उदकांत वखदी गूण आसात असो थळाव्या आनी गोंयभरच्या लोकांचो विस्वास आसा. तसो तांकां अणभव आसा असोय तांचो दावो आसा. म्हणून जायते लोक तशें पर्यटक हांगा येवन हे झरिच्या उदकांत न्हाण घेतात. गोंयच्या पर्यटन खात्यान हे झरिकडेन वचपाखातीर सपाणां बांदल्यात आनी हे झरिचें पर्यटन - थळ म्हणून सुधारणा केल्या. ह्या झरिच्या नांवावयल्यान, थंय लागींच केसरव्हाळ रिसोर्ट नांवाचें एक व्हड खाजगी मालकेचें हॉटेल उबें जालां.

वखदी गूण आशिल्ल्यो आनीकय झरी कोंकणांत तशो गोंयांत आसात. तांचो वापर न्हावपाखातीर चडसो

जाता. अशीच एक झर, उत्तर गोंयांत, बार्देस तालुक्यांतल्या पोंबुर्पेगांवात आसा. हेय झरिची पर्यटन खात्यान सुधारणा करून, थंय लोकांखातीर सुविधा निर्माण केल्या.

- सं.

**कॅसिनो :** आधुनीक पद्दतिचें जुगार-घर. ह्या घरांत इलेक्ट्रोनीक आनी मॅकानिकल तंत्रार चलपी मशीन - खेळांचेर जुगार खेळटात.

कॅसिनो हें उतर इटालियन उतर 'उरीर' म्हणजे घर हाचेंवयल्यान आयलां. उरीळपे म्हणजे ल्हान घर. आदल्या काळांत रिडोट्टो (Ridotto) नांवाचो, पयलो युरोपियन कॅसिनो इटलिच्यो व्हेनीस शारांत 1938 त सुरू जाल्लो. हो कॅसिनो कार्निवाल उत्सवांतल्या मनोरंजनाचो एक वांटो कसो सुरू जाल्लो. आदल्या कॅसिनोनी जुगारावांगडा, नाटक, नाच, खेळ अशो मनोरंजनाच्यो कार्यावळी चलताल्यो. अमेरिकेंत ह्या कॅसिनोक सुरवेक सलून (Saloon) म्हणटाले. सुरवेक अशा कॅसिनोनी बेकायदेशीर जुगार चलतालो. उपरांत बऱ्याच देशांनी ह्या जुगाराक, कांय अटी घालून, कायदेशीर मान्यताय दिली.

भारतांत जुगाराक बंदी आशिल्ल्यान, कॅसिनोंत जुगार चलोवपाक मान्यताय नासली. उपरांत जुगार खेळटल्यांचो वयोगट, कॅसिनोची पयसुल्ली सुवात, जुगाराचे नेम आनी हेर अटींचेर, आडवाद म्हणून, अवघ्याच कॅसिनोंक मान्यताय मेळ्ळ्या. 18 वर्सां ही सज्ञान जावपाची पिराय मानून, 18 वर्सावयल्या लोकांकच कॅसिनोंत प्रवेश दिवपाचें सरकारी बंधन आसा. तशेंच सर्वसादारण मनशाच्या आवाक्याभायर हो जुगार उरचो आनी गिरेस्ताकच थंय वचप शक्य जावंचें म्हणून थंयची प्रवेश फी 2 ते 4 हजारांमेरेन दवरिल्ली आसा. कॅसिनो चलोवपाच्या परवान्याचीय फी अशीच वर्सुकी 5 ते 8 लाख मेरेन आसता.

गोंयांत दोन तरेचे कॅसिनो आसात. जमनिवयले (On Shore) आनी उदकांतले (Off Shore). जमनिवयले कॅसिनो स्टार हॉटेलांनी आसात आनी उदकांतले कॅसिनो मांडवी न्हंयच्या उदकांत, पणजे शारालागीं आसात. भारतांत, गोंय हें अशे दोन तरेचे कॅसिनो आशिल्लें एकमेव राज्य आसा.



जुगार चाक

गोंयांतल्या कॅसिनोसंबंधी जायतीं मतां आसात. कॅसिनोंत जुगार चलता आनी जुगार हो भारतीय संस्कृतींत अनाचार मानला, म्हणून कॅसिनोचेर गोंयांत बंदी घालची अशें एक मत आसा. तेखातीर कांय स्वयंसेवी संस्थांनी सरकाराकडेन तशी मागणी केल्या. कांय वेळां भौशीक निदर्शनांय केल्यां. गोंय हें संसारीक नकाशावयलें एक पर्यटन केंद्र म्हणून मान्यतायेक पावलां. संसारभरचे पर्यटक हांगचे सैमीक सोबितकायेक लागून, गोंयांत येतात. गोंयच्या अर्थकारणांतय, पर्यटनाक एक खाशेली सुवात प्राप्त जाल्या. पर्यटन विकासाची गरज म्हणून, पर्यटकांक आकर्शीत करपी कॅसिनो गोंयांत आसचे. गरज पडटा थंय फाव ते नेम - निर्बंध घालचे अशें दुसरें मत आसा.

सद्याक जे कॅसिनो पणजी शाराचे देगेर, मांडवी न्हंयत आसा, तांची उदकांतल्या येरादारीक आडखळ जाता. तेभायर ते देगेवयल्यान नदरेक पडटात आनी मांडवी न्हंयचे सोबितकायेक बाधा हाडटा. ह्या कारणांक लागून

तांका थंयच्यान हालोवन, पयस अरबी दर्यांत व्हरचे असो एक विचार चलता. मांडवी न्हंयेंतल्यान अरबी समुद्रांत व्हेल्यार ताचो कॅसिनोच्या धंद्याचेर परिणाम जातलो अशें समजून कॅसिनो धनयांचो थंय वचपाक विरोध आसा.

कॅसिनोंत जुगार खेळूंक वचप्यांमदीं कांयजाण पयशे जोडूंक, कांयजाण मनोरंजना खातीर, तर कांय जाण पयलो - वयलो थंयचो अणभव घेवपाखातीर वता. पयशें जोडूंक वचप्यांचो आंकडो व्हड आसता, आनी ते नेमान थंय वता.

जुगाराचें एक शास्त्र आसा. थंय केन्ना कोण जोडटा, कोण वगडायता. जोडिल्लो आनीक उमेदीन आनीक जोडीखातीर जुगार खेळटा. वगडायल्लो, गेल्ली जोड पर्थून हाडपा खातीर खेळटा. हे जोडी मोडींचो एकंदर आनी एकत्रीत हिशोब केलो तर, अखेरेक खेळपी हारता आनी खेळोवपी जिखता. कॅसिनोंतल्या जुगारांतय हेंच तत्व आसा. म्हणून तर परवानो फी, कर, मोफत मनोरंजन, कामगार पगार, कॅसिनो बांदावळिचो भरमसाट खर्च ह्यो सगळ्यो पयशांच्यो वजाबाकी आसूनय, कॅसिनो एक धंदो म्हणून फायद्यांत चलता. हाचो अर्थ असो की हो फायदो कॅसिनो मालकाक खेळेटल्यांकडसून प्राप्त जाता.

**- सं.**

**केळ :** (मराठी - केळ, हिंदी - केला, गुजराती - केळ, कन्नड - बळेहण्णु, कदळी संस्कृत - कदली, इंग्लीश - बनाना प्लेन्टेन, लॅटीन - म्यूझा पॅरॅडिसियाका, तुळु - बाळे, मल्याळम् - वळ, तमीळ - कदळी, तेलगु - कडल्मु.)

गोड, रूचीक अशीं केळीं दिवपी फळ वनस्पत. ती फकत पौश्टीक केळींच दिना तर, तिचो दर एक भाग वखदी आसा. ती 7-8 फूट उंचायेची आसता. तर कांय केळंबे 10-12 फूट उंचायेचेर वाडटात. आवाठान चड व्हड आशिल्ले केळीक 'केळंबो' (कळंबो) म्हणटात. केळीक मुळांतल्यान कोंब येतात. ह्या कोंबांक नेमे वा मोखे म्हणटात. हे नेमे 2-3 फूट उंचायेचे जातकच तांकांय 'केळंबे' म्हणटात. केळ जशी व्हड जाता, तशी तिच्या पानांच्या गब्यां भितरलो गबो शिवडेच्या रुपान वयर सरता. दोन तीन दिसां भितर ही शिवडी बरीच वाडटा. पानाच्या रूपान ती उसवता आनी पसरता.

केळींचे खोड, गब्यांपासून घडिल्लें आसता. केळीच्या खोडांत भितर एक कांडी आसता. हे कांडये भोंवतणी गब्यांचीं कितलिशींच पातीं आसतात. कांद्यांच्यो पाकळ्यो जशो एकार एक रेवडिल्ल्यो आसतात, तशेच केळीचे गबे, एकार एक रेवडिल्ले आसतात. अशे तरेन रेवडून, सगळे वटेन एकजीव जाल्ले गबे, मुळाच्या रूपान जमनींत आसतात. आनी वयले वटेन भायल्या चार-पांच पात्यांचीं वयलीं तोंकां पानांच्या रूपान केळींच्या खोडा वयर एक एक करून सगळे गबे वयर सरता आनी केळ पानांनी भरता.



ह्या पानांची रूंदाय 30-40 सेंमी तर लांबाय 1.5 ते 2.5 मी. मेरेन आसता. पानांच्या वयल्या तोंकाकडल्या भागाक 'शिर्ती' म्हणटात. पानाच्या मदल्या भागाक 'खाणवत' म्हणटात. हे खाणवताचे मदींच दांड्याचेर कापून दोन भाग करतात, तांकां 'फाळवतां' म्हणटात. केळी पानाच्या खंयच्याय भागाचो ल्हान कुडको करतात ताका 'चोळखो' वा 'खोलो' म्हणटात. चोळख्याची बारीक तिस्ती करतात, तिका 'चिनोळी' म्हणटात. केळीच्या एकंदर गब्यांनी पानां वयर सरलीं, तशी निमाणेकडेन भितरली कांडी, बोंडयेच्या रुपान भायर सरता. आतां केळीक आनीक पानां फुटनात. निमाणें पान फुट्टा तें सामकें ल्हान आसता आनी ताका दावें पान वा शेंडें पान म्हणटात. हीं बोंडी म्हळ्यार केळीच्या फुलांचो तुरो वा गोंडो. तो वेंत - दोन वेंतां भायर सरलो, तसो जमनिवटच्यां वळटा. उपरांत बोंडयेचीं एक-एक करून पातीं उसवूंक लागतात. दर एका पात्यांत आठ-धा-बारा केसरां, म्हळ्यार लांबशींच - धवशीं फुलां आसतात. दर एका केसरांतल्यान केळें तयार जाता. आनी केसरां इतल्या आंकड्यांचो केळ्याचो फेणो तयार जाता. वयलें पातें गळून पडटा. ह्या पात्याचो रंग म्हणजेच बोंडयेचो रंग काळसो जांभळो आसता. अशे तरेन पात्या कणकणी एक एक फेणो येवन केळीक घडावलें जाता. घडावल्याक केळांवलें अशेंय म्हणटात. घडावलें चड व्हड आसत तर ताका 'घड' म्हणटात. व्हडांतल्या व्हडल्या घडांक शंबर - देडशीं केळीं जातात. एकएका घडाक, आठ-धा-बारा फेणें आसतात. दर एका फेण्याक, धा-पंदरा लेगीत केळीं लागतात. सगळ्यांत निमाणो म्हळ्यार बोंडये लागिंचो फेणो सगळ्यांत ल्हान फेणो आसता, ताका 'फूल-फेणो' म्हणटात. बोणयेचे एक-एक पातें उसवता तेन्ना एकेक फेणो घडावल्याक धरता, पूण जेन्ना फेणो धरनासून पातें उसवता, तेन्ना बोंडी कापून वा मोडून काडची पडटा. बोंडी कापली म्हणटकूच केळीं बरीं पोसवतात. केळावलें जून जालें, तशें ते कापून काडटात आनी सोमतीच केळय कापतात. कारण घड कापले, तशें तिचें कार्य सोपिल्लें आसता. ही केळ मारल्या उपरांत तिच्या मुळाक चड मोखे येतात आनी नव्यो केळी लागतात.



**नवलकाय : तिळे घड.**

केळिच्यो जायत्यो जाती आसात. तातुंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो जाती अशो आसात : रसबाळीं, सालदाटीं, मयंडोळीं, सांवरबोंडी, सुगंधी, पुवन, स्केवेन्डीश, वसई, रोबस्ता, नेन्द्रन, सफेत वेळची, साकरीन, चंद्रबाळें (लाल केळे), देवबाळें (कदळी), खापरीं, यालक्कीबाळे, बुदूबाळे, अवंडेबाळे. हातुंतल्या पयल्या चार जातिंच्या केळ्यांची लागवड कोंकणांत मोट्या प्रमाणांत जाता. हातुंतल्या कर्नाटकांतल्या तांबड्या केळ्याक जॉग्राफीकल इंडिकेशन्स इस्टिट्यूट (चेन्नय) Geographical Indications Institute (Chennai) हे संस्थेन जी. आय. प्रमाणपत्र दिलां.

रसबाळीं केळीं रूचीक, बरीं आसता, सालदाटीं

केळीं भाजी करपाखातीर तशेंच पिकोवन खातात, मयंडोळीं केळीं आकारान मोटीं आनी लांब आसता आनी तांचो हालवो करतात. सांवरबोंडी केळ्यांचीं फकत भाजी करतात. तीं पिकतकीर आंबट लागता. पुवन जातिचीं केळीं रंगान तांबडीं आसतात. केळीं 10 सेंमी. ते 50 सेंमी. मेरेन लांबायेचीं आसून हो आकार ते ते जातिचेर आदारून आसता. तरनीं आसतना फळां (केळीं) रंगान पाचवीं आसतात तर पिकतकच तीं रंगान हळडुवीं जातात. पूण वसई जातिच्या केळ्यांचो रंग पिकल्यार लेगीत पाचवो उरता. केळिचे कांय म्हत्वाचे प्रकार आसात जशे : म्युझा ॲक्युमिनेटा, म्युझा बालबाशियाना, म्युझा पॅरॅडिसिका, म्युझा कॉक्सिनिया, म्युझा टेक्स्टिलिस, म्युझा रोझोशिया, म्युझा सुपर्बा, म्युझा सुमात्राना, म्युझा झेबिना.

केळ ही हेर वनस्पतीपसून खूब वेगळी आसा. केळ हें एक झाड न्ही तर ती एक तणाचे जातिंची वनस्पत. जे वनस्पतिचें खोड लाकडाचे आसता, तेच वनस्पतीक झाड म्हूण येता. हेर झाडां सारके केळीक खांदे, ताळयोय आसनात. केळीक पानां आसतात. हेर झाडांच्या पानांच्या मानान तिच्या पानांचो आंकडो खुबूच ल्हान आनी पानांचो आवाट खुबूच व्हड आसता. म्हणून केळीक तणाचे जातिंतली एक वनस्पत मानतात. केळीचे गबे दोरांपासून (फायबरापासून) घडिल्ले आसतात. ह्या गब्यांभितर उदका सारको पातळ रोस म्हळ्यारूच दीक आसता. आनी म्हणून केळीचे आंग तुकतुकीत, तटतटीत आनी उदकाळ दिसता.

समशीतोश्ण हवामानाच्या वाठारांत केळिची लागवड खंयच्याय म्हयन्यांत करूं येता. केळिची लागवड नेम्यांपसून (Suckers) करतात. केळीक दोन प्रकारचे नेमे येतात - 1) तलवारी सारक्या आकाराचे (Sword Suckers) आनी 2) गड्डे नेमे (Water Sprouts). नवी लागवड करपाची आसत जाल्यार तलवारी सारक्या आकाराचे नेमे वापरतात. लागवड चड करून जून म्हयन्यांत पावस पडनाफुडें करतात. लागवड



केळी झाडा लांबायेचो घड

करपाखातीर 50 x 50 x 50 सेंमी. लांब, रुंद आनी खोल आकाराचीं नेमां 2.5 x 2.5 मी. अंतराचेर मारतात. नेमांत सुमार एक कायल कंपोस्ट वा शेणखत आनी उरिल्ली माती घालून नेमाचे मदीं केळीचो नेमो लायतात. नेमो लायल्या उपरांत कांय काळान ह्या नेम्याच्या शेजराक कितलेशेच नेम येतात. फकत एक नेमो दवरून हेर काडून उडयतात. अशें केलेंना जाल्यार बरेचशें अन्न गरजेभायर ह्या नेम्यांक वता आनी ताचो उत्पन्नाचेर परिणाम जाता. गिमा दिसांनी दर 4-5 दिसांनी तर थंडे दिसांनी 8-10 दिसांनी केळीक उदक दितात. केळीचे भोंवतणची नडणी वेळोवेळ काडची पडटा.

केळिचें चड उत्पन्न मेळपाखातीर रसायनीक तशेंच सेन्द्रिय साऱ्याचो वापर करतात. केळीक वर्सांतल्यान 1-

2 पांटले शेण घालतात. केळीक किडिंपासून व्हडलोसो त्रास जायना. पूण मुळाक लागपी भुंगुल्ल्यांचो त्रास जावं येता. हो भुंगुल्लो मुळांतल्यान भितर वता आनी केळिचें कांड पोखरता. ताका लागून केळिचीं पानां पयलीं हळडुवीं जातात आनी कांय उपाय केलोना जाल्यार केळ मरता. हे किडिची लागण जाली जाल्यार आल्ड्रीन 2-5 टक्के पिठो केळिच्या मुळांत घालतात. सुयेर (Bunchy Top) ह्या रोगापासून केळिचें मोट्या प्रमाणांत लुकसाण जाता. हो रोग 'व्हायरस' नांवाच्या सूक्ष्म जंतुंपासून जाल्ल्या कारणान ह्या रोगाची लागण एकदां जाली म्हणटकच ताचेर उपाय आसना. पूण ह्या रोगाचो प्रसार कांय वखदांचो वापर करून कमी करूं येता. ह्या रोगाची लागण जाल्यार केळिचीं पानां बारीक मुट्टेतात, केळिची वाड खुंटता आनी केळीक घड येनात. ह्या रोगाचो प्रसार किडिंपासून जाता. ह्या रोगाचेर नियंत्रण दवरपाखातीर पयलीं लागण जाल्ली केळ मुळासकट हुमटून, काडून, लासून उडयतात. नाजाल्यार पुरतात. उपरांत पोरसांतल्या उरिल्ल्या बऱ्या केळिच्या मुळांत 40 ग्रॅम ह्या प्रमाणांत 'कारबोफ्युरोग' हें वखद घालतात.

संवसारांतल्या चडशा सुवातिनीं केळ ही वनस्पत पळोवंक मेळटा. कोंकणांतूय केळीचे मळे चड प्रमाणांत आसात. कांय लोक आपल्या पोरसांनीं लायतात. 'रानकेळ' हीय एक केळींची जात आसा. हीय केळ पोरसांत सोबेखातीर लायतात.

**उपेग :** 1) घरगुती, 2) वखदी, 3) धार्मीक.

**1) घरगुती** : केळीच्या पानांचेर पीठ थापून भाकरी भाजतात. ही भाकर रूचीक लागता. केळिचें पान जेन्ना पिकता, तेन्ना ताचो देंट म्हळ्यार दांडारो मोव जाता आनी मोडटा वा दोडटा. मोडिल्लें पान झाडाचेरच सुकूंक लागता, ताका 'शेनत' म्हणटात. ह्या शेनताचे दोणे करतात. ह्या शेनतांचो विडयो वळुंकय उपेग करतात. पिकिल्लीं केळीं पुश्टीक आसतात. ह्या केळ्यांनी प्रतनां, स्निग्ध पदार्थ, खनिजां, जिवनसत्वां आसतात. कांय जातिंतल्या केळ्यांपासून खाशेलीं खाणां तयार करतात जशे पीठ, जेली, हालवो, चिप्स, म्हानां, मल्लूक आदी.

केळिच्या घडाक जें बोंड (बोंडी) येता तातूंत फुलां (केळ फुलां) आसतात. हीं फुलां निवळावन, तांचेमदीं आशिल्लो केसर दांडो काडून भायर उडोवन, केळफुलांची, दाळ, सोय, जिती मिरसांग घालून तळशिल्ली भाजी करतात. खतखतें, सांबार हातूंत तन्न्या केळ्यां फोडी घालता.

फ्रूट सालाद आनी फ्रूट कस्टर्ड हातूंतय पिक्या केळ्यांच्यो फोडी घालता.

**केळ्यांची करम :** साहित्य - 4 खापरी केळीं, 6 मिरयां, 1 कांदो, 1 वळें सोय, 6 सुक्यो मिरसांगो, आमटाण, साकर आनी रूची पुरतें मीठ.

रीत : केळीं उकडून घेवन तीं सोलून शिनून तांच्यो ल्हानल्हान फोडी करच्यो. कांदो बारीक शिनून घेवचो. सोय, मिरयां, मिरसांगो, मीठ आनी आमटाण वांटून ताची सुकिशी चटणी करची. तातूंत इल्ली साकरूय एकटांवची. बारीक शिनिल्लो कांदो चटणेंत एकठांवचो. उकडून, सोलून, शिनून घेतिल्ल्यो केळ्यांच्यो फोडी हे चटणेंत घालून सगळें बरें तरेन चाळचें.

हेंच साहित्य वापरून पणसाच्या मावेचीय करम करपाक मेळटा.

माव पयलीं भाजून घेवची आनी ताचो वयलो भाग तासून भायर उडोवचो. फक्त भितरलोच भाग वापरून केळ्याच्या करमेभशेनूच ही करम करपाक मेळटा.

केळ्यां-कापां : सालदाटी केळ्यांचीं तळिल्ल्यां कापांक केळ्यां कापां म्हणटात.

साहित्य - 2 केळीं, 1 चमचो मिरसांगेचो पिठो, चमचो हळडी पिठो, 1 चमचो तेल, 1 चमचो (व्हडलो) रवो, रूची परुतें मीठ.

रीत - सालदाटी केळीं धुवून घेवची. तीं तासून मदीं चिरून, उबी, पातळ 2 वा 3 कापां जाता तशी चिरची. मिरसांगे पिठो, हळडी पिठो, रूची पुरतें मीठ घालून कालोवचें. तवो तापत दवरचो. उपरांत हीं कापां रव्याक लावचीं आनी तव्यार तळत दवरचीं. तांचें भोंवतणी तेल

घालचें आनी धापणें धापचें. 2 ते 3 मिनटांनी धापणें काडचें आनी परतुवचीं. दोनी वटेच्यान भाजतकूच, तांबडो रंग येतकूच हीं कापां शिजलीं अशें समजुचें. हीं कापां शिवराकाच्या दिसांनी जेवणावांगडा तोंडाक लावन खावचीं.

खोडापासून 'वावळ्यो' नांवाचे दोर तयार करतात. केळ कापल्या उपरांत गबे काडटात, हे गबे सुकोवन ताचे धागे काडटात आनी हेच धागे म्हळ्यारूच 'वावळ्यो'. ह्या वावळ्यांचो उपेग फुलां - फांती गुथपाक करतात. तशेंच तांचे पासून वस्त्रां, चादरी, पर्सी ह्या सारक्यो हस्तकलेच्यो वस्तू तयार करतात. केळिच्या सुक्या पानांचो (शेन्तांचो) तंबाखू घालून, विडयो करपाक वापर करता.

**2) वखदी :** मोडशी, अल्सर ह्या सारकिल्ल्या रोगांचेर उपाय म्हूण पिकिल्लीं केळीं खातात. केळ्यांच्या पिठापासून 'चियिस्ट' (जिवनसत्व - ब) तयार करतात. बायलांचे मासीक पाळये वेळावयल्या त्रासांआड केळफुलांचो उपेग करतात. पोटांत तीख गेल्यार केळीच्या गब्याचो रोस काडून पितात. कामीण जाल्यार पिकिल्लें केळें म्होंवांत कालोवन खातात. हे वखदी उपाय करतना दोतोराचो सल्लो घेवनूच करचो.

**3) धार्मीक :** हिंदू धर्मांत पुजा, देवकार्य जावं हेर कसल्याय धार्मीक कार्याखातीर केळ्यांचो, केळ्याचा - घडाचो, केळीचो तशेंच केळिच्या सालिंचो म्हळ्यार गब्यांचो उपेग करतात. केळिचे गबे उदकांत पेवपाखातीर, (कुशिंनी बांदून) देवळांत वा हेर सजावटिखातीर उपेग करतात. केळिच्या पानांचो म्हळ्यार 'खोल्यांचो' कोंकणांत जेवपाखातीर उपेग करतात. हिंदू धर्मांत देवाक जेवणाचो निवेद दाखोवपाखातीर केळिची पानां वापरतात. पुजेक केल्ल्या प्रसादाच्या दोण्यांनीं एक तरी केळ्याची फोड आसतातूच. धार्मीक विधी वेळार तशें देव दर्शनावेळार पान-सुपारी (विडो) वांगडा पिकिल्लें केळें देवामुखार दवरपाची प्रथा आसा. चवथीक, गणपतीमुखार माटोळेक केळ्यां घड, सत्यनारायण पुजेक वा घर प्रवेश विधीवेळार तशें तुळशी लग्नाक आनी खाजगी तशें भौशीक धार्मीक सुवाळ्या वेळार, सुवाळ्याच्या माटवाच्या प्रवेश-दारार केळिचे दोन मोखे दोनवशयां उबे करून सजावट करता. मेल्ल्या मनशाची कूड तिरडेर दवरतना ती केळिच्या पानाचेर दवरपाची हिंदुमदीं चाल आसा.

**केळ्यां जात्रां :** कोंकणांतल्या कांय देवळांच्या उत्सवाक, देवाक केळ्यां-घडाची आंगवण करपाची रीत आसा. हे रितीप्रमाण आंगवण केल्ले लोक केळ्यांचो आख्खो घड देवाक अर्पण करता. हे अर्पण केल्ले घड देवळामुखार ऐके हारीन हुमकळटात. उप्रांत त्या घडांची पावणी जावंन लोक ते घड देवाचो प्रसाद म्हणून पावणी घालून व्हरतात. हाका केळ्यां घडा जात्रा अशेंय म्हणटात. गोंयांत अशीच एक घडा-जात्रा, माघ म्हयन्याच्या कृष्णपक्षांतले पंचमीक (फेब्रुवारी), कळंगुटच्या खोब्रा वाड्यावयल्या बाबरेश्वर देवळांत जाता. हे जात्रेक भावीक लोक आपले आंगवणिचे घड हाडून देवाक अर्पण करतात.

**- सं. मं.**

**केळ्यां करम : पळयात → केळ**

**केळ्यां कापां : पळयात → केळ**

**केळ्यां जात्रा : पळयात → केळ**

**केळ्यां - भाजी :** सांवरबोंडी केळ्यांपासून तयार केल्ले भाजयेंक केळ्यां - भाजी म्हणटात. कोंकणांत ही भाजी करता.

**साहित्य :** 3 तन्नी सांवरबोंडी केळीं, 2 चमचे तेल, अर्द चमचो सांसवां, अर्द चमचो हींग, करबिलाची पानां, 1 मिरसांग (चिरिल्ली), 2 चमचे सोय आनी रूची पुरतें मीठ.

**रीत :** सगळ्यांत पयलीं केळ्यांची साल तासून, तीं

शिनून घेवचीं. चडूय बारीक कुडके करचे न्ही. मध्यम आकार दवरचो आनी ह्यो फोडी उदकांत एकदाच धुवन घेवच्यो.

एका आयदनांत तेल तापत दवरून तातूंत सांसवां फुरफुरावन घेवची. तातूंत चिरिल्लीं केळीं घालची आनी अर्द वाटी उदक घालचे आनी शिजोवचीं. केळीं फूट मेरेन शिजोवचीं उपरांत दोन चमचे सोय, मिरसांग, मीठ, कोथमिरिचो पालो घालून पांच मिनटां मंद उज्यार दवरची आनी काडची.

ही भाजी सामकी शिवराक. तातूंत कांद्याचो उपेग मात लेगीत करूंक ना. शिवराका दिसांनी शिवराक जेवप्यांनी तोंडाक म्हूण खावं येता.

**केळ्यां - हालवो** : मंयडोळीं केळ्यांपसून तयार केल्ल्या गोड पदार्थाक केळ्यां हालवो म्हणटात. कोंकणांत हो हालवो करता.

साहित्य : 6 पिकीं मंयडोळीं केळीं, 2 चमचे तूप (घरगुती आसल्यार चड बरें), (लवंगां, 4 वेलची, 2 वाटी साखर)

रीत : सगळ्यांत पयली मंयडोळीं केळीं सोलून तीं वाटकुळी चिरून घेवची. उपरांत, गॅस पेटोवन ताचेर लोखणें तापत दवरचें, तूप सोडचें, लवंगां घालचीं आनी चिरिल्लीं केळ्ळीं तुपान बरीं तळसुवचीं. हीं केळीं तळशिल्या उपरांत, तीं हळडुळीं जातात. उपरांत 1 वाटी उदक घालचें आनी साखर घालची, 10-15 मिनटां शिजोवचीं. शिजल्याउपरांत सकयल काडचें. साखरेच्या पातळ पाकांत केळ्याच्यो वाटकुळ्यो पातळ फोडी असो हो हालव्याचो पातळ पदार्थ आसता. पाव वा चपाती वा पुरी हांचे वांगडा तो सकाळचे वा सांजचे च्याये वांगडा खावप जाता. जेवणा उप्रांत गोडशें म्हणूनय तो निखटो खातात

केळ्याच्यो फोडी करिनासतना, केळ्यांचो गर मुड्डून काडून ताची बारीक अशी चटणी (पेस्ट) करून वयर सांगिल्ले सगळे जिन्नस घालून आनी वयले पद्दतीन शिजोवन, अनस वा आंब्या हालव्या सारखो केळ्यांचो सुको हालवोय करता.

हे हालवे बरणेंत घट्ट धांपून, फ्रिजांत दवरल्यार चड दीस तिगता.

- **सं. मं.**

**केळवण (आहेर)** : केळवण हो शब्द केळवप ह्या शब्दावयल्यान आयला. केळवप म्हणजे वाड करप. अपुर्बाय करप. दुसऱ्याक समृद्ध करप. कोणाय भुरग्याची मूज आनी चलो वा चलयेचें लग्न थारलें तर ताका लग्ना पयलीं थोडे दीस तागेले नात्यांतले व्हंकलेंक वा न्हवऱ्याक आपल्या घरा आपोवन बरें जेवण करतात आनी ताका कपडे, साडी, आयदन वा पयशें दितात. ताच्या संवसाराक हातभार लागचो आनी ताच्या संवसारांत ताची समृद्धी जावंची तशेंच ताची तोखणाय करची, हो ताचे फाटलो उद्देश. परबीं दिवपाची ही एक तरा. ज्या भुरग्यांची मूज जाता ताकाय केळवण करता. केळवण म्हणजे नातेवाईकांनी वा घरच्यांनी दिल्ली भेट. कांय समाजांत लग्ना आदीं हळद म्हणून सुवाळो जाता. तातूंत नात्यांतलीं आनी घरचीं तांकां भेट दितात हीय केळवणच. लग्नापयलीं व्हंकलेक वा न्हवऱ्याक आपल्या घरा व्हरुन शेजारी - सोयऱ्यांनी केळवण (खाण वस्त, वस्त्र वा पयशे) करपाची प्रथा आदल्या काळांत सर्रास चलताली. हें आतां उणें जालां. पूण लग्नापयलीं देवकारें वा हळद म्हूण जो सुवाळो करतात थंयच सगळी तांकां भेटवण दितात.

केळवण आनी आहेर हातूंत मात्सो फरक आसा. केळवण हीं घरचीं आनी नात्यांतलींच करतात, पूण आहेर इश्ट मंडळी करतात. हाचो मुख्य उद्देश म्हळ्यार नवो संसार जे सुरू करतात ताका हातभार लागचो. लग्न, मूज, गुरवार बायलेक फुलां माळप वा कसलेय मंगल कार्य केलें जाल्यार असो आहेर करपाची सर्रास पद्दत आसा.

पयलीं बरेच कडेन लग्न वा मुजी दिसा भेटी दिताले. हालीं हालीं लग्नाचे पत्रिकेचेर मुद्दाम बरयतात, ''आहेर हाडचो वा धाडचो न्हय' अशा वेळार लग्नाच्या पयल्या

दिसा, नात्यांतलीं मुद्दाम वचून केळवण करतात.लग्न वा मूज जाता तेन्ना व्हंकलेच्या, न्हवऱ्याच्या वा मुंजाच्या आवय बापायक केळवण करतात. ही रीत अजून चालू आसा. क्रिस्तांव, मुसलमान आनी हेर समाजांत लेगीत ही रीत चालू आसा.

तेच प्रमाण लग्न जाले ते उपरांत बरेच नात्यांतले वा थोडे इश्ट लेगीत व्हंकलेक आनी न्हवऱ्याक दोगांकय घरा व्हरतात आनी तांकां केळवण करतात. तशेंच लग्न जाल्ले धुवेक आनी जावयांक लग्न जातकूच रोखडेच पांच दिसांनीं घरा हाडटात (पाच परतवण) आनी तांकां केळवण करतात. लग्न जाले उपरांत पयले चवथ, दिवाळी परबेक लग्न जाल्ले चलयेच्या कुळाराकडल्यान खाणांची आनी पुजेच्या सामानाची तिच्या घोवा घरा भेट दिवप जाता. ताका 'वजें धाडप' म्हणटा. होय एक केळवणिचो प्रकार आसा.

आदल्या काळांत अमुकूच लाडू वा अमुकूच नेवऱ्यो, त्योय आकारान मोठ्यो, पयले चवथी वेळार धाडुंकूच जाय अशी पद्दत आयली. कांय नात्यांतली भांगराची वस्त करून घालतात. लग्नावेळार प्रत्येक नात्यांतल्यान व्हंकलेक वा न्हवऱ्यांक केन्ना केळवण दिवची हाचे कांय संकेत आसात. देवकाऱ्या दिसा तेल लावन व्हंकल वा न्हवरो न्हांवन जेन्ना भायर येता ताका 'माटोळेंतल्यान काडप' म्हणटात. ताका मामानूच भायर काडचे अशी पद्दत आसा. तेन्ना मामाक केळवण करप आसता. अश्टवर्ग करतात म्हणजेच गोत्रांत काडपाचे आसता, तेन्ना न्हवऱ्यान व्हंकलेक केळवण करपाची आसता. तशेंच भोवां आहेर मामान करपाचो आसता. तेन्ना मामीन व्हंकलेच्या केंसांमदीं भांगांत चण्याची दाळ दाळप आसता आनी मामान ती पळयनासतना सकयल वडोवची आसता. मामा - मामीन व्हंकलेक केळवण करप आनी व्हंकलेच्या आवय बापायन मामा मामीक केळवण करप, तेचप्रमाण व्हंकल पावणे वेळार जाणट्या सोयऱ्यां धायऱ्यांक पांय पडप आसता. हाका 'पांयापडणी' म्हणटात. तेन्ना सगळ्या जाणटयांनी तांकां केळवण करप आसता. लग्न लागचे पयलीं व्हंकलेच्या व्हडल्या भयणीक आनी भावोजीक कितेंय दिवन ज्येश्ट मान करतात. हो एक केळवणिचोच प्रकार. अशे हे तरेतरेचे केळवणिचे प्रकार. अशे केळवण करपाचे प्रकार बाकिच्या समाजांतूय आसात.

शास्त्राप्रमाण लग्न विधींत कन्या दान करपा वेळार व्हंकलेच्या बापायन धुवेक यथा शक्त विभूशीत करून घोवा घरा धाडचें आसता ते संबंदिचो तो श्लोक असोः

**गौरी कन्यामिमां विप्र यथा शक्ति विभूषितां।**
**गौत्राय शर्मणे तुभ्यं दत्तां विप्र समाश्रय॥**

लग्ना वेळार जावयांक हत्ती, दास, दासी, वाहन, अलंकार दिवन समृद्ध करचे अशें म्हणलां तो श्लोक असोः

**जल भाजन भोजन गोमहिष्यश्व**
**गज दासी दास भू वाहन अलंकारदिन**
**संकल्प पूर्वक वराय दद्यात्।**

आवय बापायन आपले धुवेच्या संसाराक हातभार लागपाक सुरू केल्ली केळवणिची प्रथा आतां वेगवेगळे तरेन करप जाता.

**- श्री. माणिकराव राम नायक गावणेकार**

**केळवण (आहेर)** : 'आहेर' हें उतर संस्कृत आ उपसर्ग आनि हृ धातू हांकां य प्रत्यय लागून जाल्ल्या आहार्य रुपावेल्यान उत्पन्न जालां. हाचो अर्थ आसा, हाडपाक वा घेवन वचपाक योग्य अशें. (धन, वस्त बी.) संस्कृत आहार्य उतर विशेशण आसा. म्हणून कोंकणी आहेर उतर लेगीत विशेशण मानूं येता. म्हणून हाचोय अर्थ आनी व्याकरणांतलें नांव लेगीत संस्कृताभाशेन विशेशण आसा. ताचो अर्थ आसा :लग्नावेळार व्हंकलेक भेट म्हणून दिवपा योग्य अशें. (धन बी). हाका आतां हुंडो अशेंय बी म्हणूं येता. ही एका निमित्यान बापायन बी चलयेक दिवपाची गजाल आशिल्ली. मागीर संबंदी लोक दिवपाक लागले. उप्रांत ज्या कोणाक दिसलें तेवूय कितेंय

तरी वस्तू भेट म्हणून दिवपाक लागले. ताका लागून खंयच्याय शुभकार्याक वा अभ्युदयाच्या कार्याक लोकांनी भेट म्हणून वस्तू दिवपाक सुरवात केली. मागीर आहेर हें उत्तर जें विशेशण आशिल्लें तें सामान्य नाम जालें आनी भेट दिवपाचे खंयचेय वस्तूंक तें लागू जालें. देखीक : मूंज. केळवण. फुलां माळप, व्होंट भरप, गुरवारी जेवण करप. घरप्रवेश करप, भुरग्याक पाळण्यांत घालप, वाडदीस मनोवप बी अशें रितीन सगळ्या कार्यांक आहेर व्हरपाची पद्धत पडत गेली.

पयलीं आहेर म्हूण वस्त्रांच भेटोवपाची चाल आशिल्लिशी दिसता. हाचें कारण मंटप देवता दवरतकूच यजमानांक आप्तवर्गांनी बी वस्त्रां भेटोवचीं अशें सांगलां. त्यावेळार युवं वस्त्राणी बी मंत्र म्हणपाक सांगल्यात.

**- डॉ. अनंत रा. भट**

**केळकर, श्री. कृष्णशास्त्री गदाधर :** (जल्म : 18 मे 1919 सुर्ल, दिवचल - गोंय, मरण :--)

एक वैदीक शास्त्री. ताच्या बापायचें नांव गदाधर आनी आवयचें आनंदीबाई आसलें. 1926 ते 1930 मेरेन ताचें वैदीक प्राथमीक शिक्षण शिरोड्यां, फोंड्यां तालुक्यांत जालें. 1930 ते 1932 वर्सा मेरेन श्री. विष्णुशास्त्री पाटील हाच्या मार्गदर्शनाखाला फुडलें शिक्षण जालें. 1942 त तो सांगलींतल्यान आपलें वैदीक उंचेले शिक्षण सोपोवन गोंयांत परतलो. कृष्णशास्त्री केळकर हाचें लग्न गुंगू वझे वांगडा जालें. तांकां एक चलो आनी एक चली आसली. लग्न जावन सात वर्सांनी ताची घरकान्न भायर पडली. उपरांत ताचो चलो कांय वर्सांनी भायर पडलो. ताचे चलयेचो सांबाळ आज्जेन आनी काका - काकीन केलो. कृष्णशास्त्रीन दुसरे फावट लग्न करचें असो आग्रो घरच्यांचो आसलो. पूण ताणें तो न्हयकारलो आनी जल्मभर संन्याशी वृत्तीन तो वावुरलो.

गोपाळ खेडेकर, कृष्णशास्त्री केळकर, हरिभाऊ बोरकर, गणेश बेहरे आनी पांडुरंगशास्त्री केळकर हांचे वैदीक शास्त्रांतले पंचकोनी मंत्रिमंडळ आशिल्लें. तातूंत लिखीत स्वरुपाचो तसो करार नाशिल्लो. पूण पांचांतय असादारण योग्यतायेचे नेतृत्वाचे गूण आशिल्ले. ह्या पांचय जाणांच्या मार्गदर्शनाखाला गोंय आनी गोंयाभायर जायते यशस्वी धार्मीक याग संपन्न जाले.

फोंडा तालुक्यांतल्या कवळें गांवच्या कपिलेश्वरी विभागांतले शांकर पाठशाळेचें पुनरुजीवन सर्गेस्त हरिभाऊ बोरकर आनी कृष्णशास्त्री केळकर हाणी हेर वेदाभिमानी संस्कृत मोगी तशेंच शिक्षण मोग्यांच्या सहकार्यान केल्लें. शिक्षणाच्या क्षेत्रांत हे एक म्हत्वाचें कार्य आसा.

मुळांत ही शाळा श्रीशृंगेरी शांकरभारती स्वामी हांच्या प्रेरणेन कपिलेश्वरी हांगा चैत्र शुद्ध द्वितीय शके 1842 (इसवी सन 1919) वर्सा सुरू जाल्ली. मध्यंतरी सुमार 42 वर्सां ती शाळा अनियमितपणान चलताली. 1961 वर्सा वेदाभिमानी आनी संस्कृत मोगी वासुदेव शास्त्री निगुडकर, हरिभाऊ बोरकर, कृष्णशास्त्री केळकर, डॉ. गोविंदराव वैद्य, शांताराम सरज्योतिषी आदी शिक्षण मोगी एकठांय येवन ही शाळा खंडीत दवरनासतना चलोवपाची इत्सा बाळगून गोमंतक संस्कृतोत्तेजक मंडळ ह्या नांवान विश्वस्त संस्था स्थापन करपाचो निर्णय घेतलो. 1964 वर्सा ह्या संस्थेची रितसर नोंदणी जाली. उपरांत 'शांकर पाठशाळा' अशें नांव दवरलें.

5 मे 1992 वर्सा शांकर पाठशाळेच्या ह्या नूतन इमारतीचें उक्तावण गोंयचे तेदेवेळचे मुखेलमंत्री श्री. प्रतापसिंह रावजी राणे हाच्या अध्यक्षतेखाला जालें. ह्या सुवाळ्यावेळार संस्थेच्या कार्यांत संस्मरणीय कार्य करपी वे. शा. संपन्न श्री. कृष्णशास्त्री केळकर, अनंतशास्त्री उपाध्ये, गणपती दांडेकर, विष्णूशास्त्री बोरकर, सदाशिव नागेश टेंगसे आनी पुरुषोत्तमशास्त्री बोरकर ह्या भौमानेस्त गुरूजनांचो महावस्त्र, फुलांचो तुरो आनी श्रीफळ दिवन भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**केळेकार गिरिजा बाय :** (जल्म : 2.10 1903 बांदिवडे - फोंडें गोंय;
मरण 3.7.1982, बांदिवडे - फोंडे - गोंय)

शास्त्रीय गायनांत नामना जोडिल्ली गोंयकार गायिका. राधाबाई केळेकर हिची ती म्हालवत धूव. तिका स भयणी आनी दोग भाव आसले. ह्या सवय भयणींक गोड आनी सुरेल आवाजाची सैमीक भेट मेळिल्ली. त्या काळांतले, नामनेचे संगितकार रामकृष्णबुवा वझे बांदिवडे गांवांतच, नागेशीं रावताले. गिरिजाबायक संगिताचे प्राथमिक धडे वझेबुवा दिताले. उप्रांत गिरिजाबाय ते धडे आपल्या सवय भयणींक शिकयताली.

फुडें गायन - वादन - नाच - अभिनय अशी चौरंगी विद्या प्राप्त भांवडां मुंबय रावूंक गेली. फुडें पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा गिरिजाबायय मुंबय रावपाक गेली. मुंबय तिणें विलायत खाँ साहेबाकडसून संगिताचें शिक्षण घेवंक आरंभ केलो. आदींच गायनांत तयार जाल्ल्या गिरिजाबायन, खाँसाहेबाचे तालमींत आनीक प्रगती केली. थोड्याच काळाभितर तिचें नांव शास्त्रीय गायिका म्हणून परिचीत जालें. तो काळ रेडिओचे प्रसद्धिचो आसलो. घरा घरांनी रेडिओ पाविल्ल्यान गिरिजाबायचें संगीत रेडिओवरवीं लोकांमेरेन पावलें. ह्याच काळांत मराठी रंगभूंय आनी संगीत नाटकांचें परिवर्तन चलतालें. गायन आनी अभिनय अशा दोनय मळार साधना जोडिल्ल्या गिरिजाबायन, ह्या दोनय माध्यमांवरवीं, आपल्या आंगांतल्या गुणांचें उत्तम दर्शन घडयलें. ''रेडिओस्टार'' नाट्य संस्थेच्या ''बेबी''ची भुमिका तिणे आपल्या आगळ्या-वेगळ्या ढंगान सादर करून गाजयली.

पूण तिचें मन मुंबय रमिल्लें दिसना. थंय तिचें नांव जाता जातांच ती रोखडीच पर्थून गोंयांतल्या बांदिवडे ह्या आपल्या जल्मगांवांत आयली. हांगा तिणें आपल्या घरांतच संगीत साधनेचें 'गुरुकुल' घडयलें आनी गोंयांतल्या उदयोन्मूख संगितकारांक संगिताचें शास्त्रीय शिक्षण दिवंक सुरवात केली. पंडीत जितेंद्र अभिषेकी, पंडीत रामनाथ मठकर, कुसूम सुर्लकर, बकुळाबाय रामनाथकर, अशी शिश्यपरंपरा तिणें तयार केली. तिचे शिश्य आशिल्ले पं. जितेंद्र अभिषेकी आनी पंडीत रामनाथ मठकर सारख्या संगीत कलाकारांनी, फुडाराक संगीत - मळाक एक आगळें अशें योगदान दिलें. तेच वांगडा पणजी आकाशवाणी केंद्रार जावपी तिच्या गायनाच्यो मैफली, गोंयकार संगीत प्रेमींक संगिताचे विविध अविश्कार घडोवंक लागले. गोयांतल्या संगीत नाटकां खातीरय तिणें सुमधुर चाली घडयल्यो.

तिचे संगीत साधनेचो भोवमान, गोंयांतल्या जायत्या संस्थांनी केला. फोंडा तालुको (गोंय) पत्रकार संघाचे वतीन, तिचें यादस्तीक म्हणून फर्मागुडी हांगच्या गोपाळ गणपती प्राकारांत, ''गिरिजाबाय केळेकर संगीत समारोह'' नांवान दर वर्सा संगीत संमेलन जाता.

**- माधवी देसाई**

**केळेकार, रवींद्र राजाराम :** (जल्म : 7 मार्च 1925, कुंकळ्ळी - गोंय;
मरण : 27 ऑगस्ट 2010, मडगांव - गोंय)

नामनेचो कोंकणी विचारवंत साहित्यीक. ताच्या ल्हानपणांत, दोतोर आशिल्ल्या ताच्या बापायची तेवेळच्या पुर्तुगीज सरकाराच्या शासनाखाला आशिल्ल्या दीव (गुजरात) प्रदेशांत बदली जाल्ली. देखून, थंय आवय-बापायसरीं रावूंक गेल्ल्यान, ताचें प्राथमीक शिक्षण गुजरातींत (1931-35) तशेंच पुर्तुगिजींत (1936-38) दीव प्रदेशांत जालें. फुडलें पुर्तुगीज शिक्षण (1939-44) गोंयांतल्या फोंडेच्या आल्मेद कॉलेजींत तशें पणजेच्या इंस्टिट्यूट द. इन्स्ट्रकसांव हे संस्थेंत जालें. पुर्तुगेज लिसेवाच्या 6 व्या वर्साची परिक्षा दिल्या उपरांत ताका 1946 वर्सा गोंयचे सुटके झुजांत वांटो घेवचो पडिल्ल्यान फुडलें शिकप सुटलें. 1949 वर्सा ताचें गोदुबाय सरदेसाय हिचेकडेन लग्न जालें. त्याच वर्सा तो महात्मा गांधीच्या देश बांदावळिच्या वावरांत सहभागी जावपाक, काकासाहेब कालेलकर हाच्या सहवासांत ताणें वर्धा आश्रमांत स वर्सां काडलीं.



गांधी विचार पटल्या उपरांत वर्ध्याक सांवन ताणें कोंकणींत 'मीर्ग' नांवाचे एक पंद्रशी नेमाळें चलयलें. तें दोन वर्सां (1953-55) चल्लें. 'मीर्ग' नेमाळ्यांतलें बरोवप ही ताच्या लेखन - निर्मितिची सुरवात अशें मानतात. उपरांत तो दिल्लीक गेलो. वर्सभर थंयच्या गांधी स्मारक संग्रहालयांत ताणें ग्रंथपालाचें काम केलें. ताचें जिणेंतली ही पयली आनी निमणी नोकरी. उपरांत ताणें कसली अधीकृत नोकरी वा आर्थीक येणावळिचो वेवसाय - उद्योग केलोना. 1956 वर्सा तो मुंबय आयलो आनी ताणें गोंयकारांक सांस्कृतीक आनी सामाजीक जाण येवची म्हूण 'गोमंत भारती' नांवाची एक संस्था काडली. तेचपरी 'गोमंत भारती' नांवाचें एक सातोळें किरिस्तांव कोंकणी लोकांच्या प्रबोधनाखातीर रोमी लिपींत चलयलें. 1956 ते 60 वर्सां ताणें ह्या नेमाळ्याचें संपादन केलें. 1960 वर्सा गोंयांत येवन ताणें पर्थून गोंयच्या सुटकेझुजांत वांटो घेतलो. दोन म्हयने तो बंदखणींत आशिल्लो.

1962 वर्सा मडगांव शारांत जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या 8 व्या अधिवेशनाचो तो येवकार अध्यक्ष जालो. 1962 सांवन 1980 मेरेनच्या काळांत तो सक्रीय राजकारणांत आसलो. 1967 वर्सा तो जपानाचे भोंवडेक गेलो. 1967 वर्सा पणजे जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनाचो आनी उपरांत 1978 वर्सा कोचीन हांगा जाल्ले अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. साहित्य अकादेमीच्या कार्यकारी समितिचो तो 1977 ते 1988 मेरेन (दोन कार्यकाळ) वांगडी आसलो.

1962 त, मडगांव - गोंय हांगा स्थापन जाल्ल्या कोंकणी भाशा मंडळ - गोंय हें गोंयचे म्हालगडे कोंकणी संस्थेचो तो संस्थापक वांगडी आसलो. नवी दिल्लीच्या गांधी हिंदुस्थानी साहित्य सभा हे संस्थेचेर ताची 1987 त धा वर्सांखातीर कार्यकारी मंडळाचो वांगडी म्हणून नेमणूक जाल्ली. 1988 त नवी दिल्लीच्या गांधी शांती प्रतिष्ठान हें संस्थेचेर एक संचालक म्हणून ताची नेमणूक जाल्ली. 1989 त, 'इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा' हे गोंयचे संस्थेन ताका फेलोशीप दिल्ली. 2007 त ताका केंद्रीय साहित्य अकादेमीची प्रतिष्ठेची फेलो ही उपाधी प्राप्त जाल्ली.

ताणें बरयिल्लीं पुस्तकां अशीं : 'महात्मा' (अणकारीत 1954), 'सत्याग्रह' (1955), 'मंगल प्रभात' (1956), 'अशे आशिल्ले गांधीजी (1960), 'नवी शाळा' (आधारीत 1960), 'कथा आनी काणयो' (1961), 'तुळशी (कादंबरी) (1971), 'वेळेवयल्यो घुलो' (दिसपटी) (1971), 'भज गोविंदम् (आधारीत) (1973) 'उजवाडाचे सूर' (निबंध) (1973), 'भौभाशीक भारतांत, भाशेचें समाजशास्त्र' (1974), 'मुक्ती' (आधारीत) (एकांकी - 1975), 'तीन एके तीन' (आधारीत) (एकांकी - 1977), 'लाला बाला' (आधारीत) (नाटक - 1976), 'हिमालयांत (प्रवासवर्णन - 1976), 'ब्रह्मांडांतलें तांडव (नक्षत्रविद्या - 1980), 'सांगाती' (कथन - 1977), 'समिधा' (निबंध - 1996), 'ओथांबे' (निबंध - 1999), 'घुसपल्लें जानवें' (निबंध - 2000), 'पांथस्थ', (आत्मकथन 2000), 'सर्जकाची आंतर कथा' (लेखन प्रक्रिया कथन 2000), 'आमोरेर' (निबंध

- 2003), 'अघळ - पघळ' (निबंध 2005), 'आशी कुशीक' (कथन - 2007), 'कसलो धीर आनी आधार' (मराठी संत कविचें विश्लेशण - 2007), 'महाभारत : एक अनुसर्जन' (दोन खंड - 1985), 'तथागत' (गौतमबुद्ध चरित्र - 1998), 'भारत वर्षाची सांस्कृतायेची साधना' (भारतीय संस्कृती 2005), 'तीन पावलां प्रज्ञावादाची' (धम्मपद, विदुरनिती आनी भगवद्गितेचेर भाश्य - 2005), 'तोलस्तॉय' (लियु तोलस्तॉय चरित्र - 2009), 'कषाय मधुर' (निबंध - 2010). ताणें मराठींत 'कोंकणीचे राजकारण' (1964), 'जपान जसा दिसला' (1967) आनी 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' (1970) अशीं पुस्तकां बरयल्यांत. 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' ह्या पुस्तकाचे गुजराती आनी हिंदींत अणकार जाल्यात. 'महात्मा गांधी - एक जीवनी' (1985) आनी 'काकासाहेब कालेलकर' (1990) आनी 'मानवताके झरने' (मूळ गुजराती), 'जीवन लीला' (मूळ गुजराती - 1955) हीं ताचीं हिंदी पुस्तकां.



भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार स्विकृती

ताणें हेर भाशांतल्या पुस्तकांचे कोंकणींत केल्ले अणकार अशे आसात : ''आनी तांकां मनशांत हाडले'' (मूळ गुजराती 1984), सगळे मनीस भाव, भाव (मूळ इंग्रजी 1995), 'हिन्दु धर्म म्हळ्यार किते?' (मूळ हिंदी 1995) आनी 'दिसा सपन' (मूळ गुजराती - 2000) तेभायर ताणें महात्मा गांधी आनी काकासायब कालेलकर हांच्या पुस्तकांचें संपादन -कामय केलां. तशेंच, केंद्रीय साहित्य अकादमी खातीर कोंकणी पुस्तकांची वळेरी (bibliography) (1963) त तयार केल्या. ताणें 'सुनापरान्त' (कोंकणी) आनी 'नवप्रभा' (मराठी) दैनिकांतल्यान सुमार धायेक वर्सां सत्तकी सदरां चलयल्यांत. ताचें स्वताचें 'जाग' कोंकणी म्हयनाळ्याचें संपादन, ताणें म्हयनाळ्याच्या जल्मापासून (1988 पासून) ते ताचें उतार पिरायेमेरेन (2007 मेरेन) केलें. संपादनाची जापसालकी सोडल्या उप्रांतय तो 'जागा'त सातत्यान बरयतालो. ताणें जागाच्या संपादकियांतल्यान (नदर संपादप्याची) सुमार तीन दसकां, साबार विशयांचेर चिंतनशील अशें प्रबोधनकारी लेखन केलां.

ताच्या लेखन - कृतींक जायते भोवमान फाव जाले ते अशे : 'गोवा कला अकादमी पुरस्कार' (1973 आनी 1976). 'कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार' (1974), 'साहित्य अकादमी पुरस्कार' (कोंकणीक मेळिल्लो पयलो पुरस्कार (1977), 'साहित्य अकादमी अणकार पुरस्कार' (1990), 'स्वामी प्रणावनंद पुरस्कार' (1990), 'केंद्रीय हिन्दी निदेशालय पुरस्कार' (1992), 'कोंकणी साहित्य रत्न पुरस्कार' (विश्वकोंकणी संमेलन मंगळूर, 1995), 'गोमन्तशारदा पुरस्कार' (गोंय सरकार, 1997), 'डॉ. टी. एम. ए. पै फाऊंडेशन मणिपाल, पुरस्कार' (2000), 'सौहार्द सन्मान' (उत्तर प्रदेश हिन्दी संस्थान - लखनऊ - 2001) पुरस्कार, जनगंगा पुरस्कार (कुडचडे कोंकणी

सेवा संस्था - 2003), 'केंद्रीय साहित्य अकादमी फेलो' (2007), 'भाशा भारती सन्मान' (केंद्रीय भाशा संस्थान - म्हैसूर, 2007), 'पद्मभुशण पुरस्कार' (2008) आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार (2006).

रवींद्र केळेकाराचें जिवीत हें ताच्याच उतरांनी सांगपाचे तर फायटर आनी रायटराचें (संघर्श आनी साहित्य निर्मितीचें) जिवीत आसा. पिरायभर ताणें ह्यो दोन गजाली आपल्या जिविताचें ध्येय मानलें. पयलीं, गोंयच्या राजकीय स्वातंत्र्याची चळवळ केली आनी उप्रांत, अखेर मेरेन स्वतंत्र गोंयचे कोंकणी अस्मिताय - रक्षणाचें झूज निश्टेन झुजलो. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें, कोंकणी अस्मितायें आड वावुरपी कांय वृत्ती आनी प्रवृत्ती (गोंयच्यो तशो महाराष्ट्रांतल्यो) हांगा धुस्पट घालूंक लागल्यो. परंपरा, इतिहास हांच्या नांवान सर्वसादारण गोंयकारांची दिकाभूल करुंक लागल्यो. गोंयचें स्वतंत्र राजकीय तशें अस्मितायी - अस्तित्व पुसून उडोवपाचो पाडो वावर ही प्रवृत्ती करूंक लागली. हे प्रवृत्ती आड तन-मन-धनान रवींद्र वावुरलो. ताणें फुडें हें अस्मिताय - चळवळीचें समर्थपणान नेतृत्त्वय केलें आनी गोंयाक ताचें स्वतंत्र राजकीय अस्तित्व, (गोंय राज्य), ताची भास (कोंकणी) आनी स्वाभिमान (कोंकणी अस्मिताय) दिवपाचें शणै गोंयबाबान (वामन रघुनाथ वर्देवालावलकार) पळयल्लें सपन फळादीक जावंक भोव कश्ट घेतले.

ह्या संघर्शाच्या वावराक विचारीक बसका दिवपाच्या उद्देशान, सुरू केल्लें लेखन, उप्रांत ताचें मुखेल जिवीत साधन जालें. ताणें आपल्या लेखनांत सगळ्या विशयांक सुवात दिली. गोंय, भारत आनी संसार हो ताच्या लेखनाचो आवाठ जालो. प्रबोधनकारी आनी गांधीवादी विचारांक पुरक असो निबंध हो साहित्य प्रकार ताणें चड बरयलो आनी कोंकणी साहित्याक गद्य साहित्याचें अधिष्ठान दिवन कोंकणी भाशेक समृद्ध केली.

- **सं.**

## कैवल्य मठ : पळयात → कवळें मठ

**कोंकण :** सह्याद्री पर्वत आनी अरबी समुद्र हांचेमदलो अशीर असो भारताचे पश्चीम देगेवयलो भूप्रदेश. ह्या प्रदेशाची व्याप्ती वेगवेगळ्या काळांत वेगवेगळी सांगल्या. प्रपंच हृदय ग्रंथांत ती गुजरात ते केरळ मेरेन सांगल्या आनी ती सात कोंकणांत (सप्त कोंकणांत) विभागल्या. स्कंद पुराणांतल्या सह्याद्री खंडांतल्या कोंकणाख्यानांत केरळ, तुलंग, सौराष्ट्र, कोंकण, करहाट, कर्नाटक आनी बर्बर अशे कोंकणपट्टीचे सात भाग दिल्यात आनी ताचो विस्तार 100 योजन लांब आनी 3 योजन रूंद सांगला.

**केरलाश्च तुलङ्गाश्च तथा सौराष्ट्रवासिनः।**
**कोङ्कणाः करहाटाश्चकरनाटाश्च बर्बराः॥**
**इत्यते सप्तदेशा वै कोंकणाः परिकीर्तिताः।**

अशें आसलें, तरी सद्याच्या वास्तव वेव्हारांत, कोंकण ह्या भुप्रदेशाची लौकीक व्याप्ती उत्तरेवटेन दमण गंगा आनी दक्षिणेवटेन गंगावळी न्हंय इतक्यापुरती शिमीत उरल्या. हातूंत सद्याचे परिस्थितींत महाराष्ट्र राज्यांत चडसो भाग आस्पावता.

कोंकण ह्या उतराचो उत्पत्ती संबंधी वेगवेगळीं मतां आसात. कांय जाणांच्या मताप्रमाण चेर देशाच्या कांग वा कोंग ह्या नांवावयल्यान कोंगवन आनी उपरांत 'कोंकण' जालें. (भागवत पुराण). कोंकण भुंयची निर्मिती करपी परशुरामाची आवय कुंकणा हिचेवयल्यान कोंकण नांव हे भुंयेक पडलें अशें कांय जाण समजतात. इसवी सन पयलीं चवथ्या शतमानासांवन कोंकण नांवाची बरी वळख आसली. बृहत्संहिता (सवो शेंकडो), राजतरंगिणी (बारावो शेंकडो), चालुक्यांच्या शिलालेखांत कोंकणचो संदर्भ आयला. प्लिनी, टॉलेमी, स्ट्रॅबो, अल्बिरूनी ह्या सारखिल्ल्या आदल्या काळांत ह्या प्रदेशांत भेट दिवपी ग्रीक, ईजिप्त, चिनी प्रवाशांक ह्या प्रदेशाची वळख आसली. बाबिलोन, रोम सारख्या देशांचो कोंकणाकडेन वेपारी संबंध आसले.


दर्यादेगेवयलो एक वाठार.

सह्याद्री पर्वताची पश्चीम देग आनी अरबी दर्याची तड हाचेंमदलें अशीर सुवातेवयलो हो प्रदेश दोंगराळ, फातरां-तळपांचो आनी येरादारिचीं उणी साधनां आशिल्लो. हाका लागून हो प्रदेश उदरगतींत सदांच फाटीं उरला. 1998 सावन ह्या प्रदेशांत कोंकण रेल्वे सुरू जाल्ल्यान, ह्या प्रदेशाचे उदरगतीक आतां गती मेळल्या. आदल्या काळांत, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकतांतल्या उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत आस्पावल्ल्या कोंकण प्रदेशाचे लोक, एक तर सैन्यांत वा मुंबय कपड्यां गिरणिनी कामाक वताले. थंय सांवन ते आपल्या मूळ घरा मनी ऑर्डरीन पयशे धाडटाले. त्या काळार कोंकणांतल्या (महाराष्ट्र वाठार) ह्या आर्थीक वेव्हाराक मनी ऑर्डरिचें अर्थकारण म्हणटाले. भुगोलीक कारणांक लागून हो प्रदेश वेपार उद्योगांत आनी व्हड प्रमाणांतले शेती - वेवसायांत फाटीं उरला, तरी हांगाचे सैमीक आनी भुगोलीक प्रकृतीक लागून ह्या प्रदेशाक इतिहासीक नदरेन व्हड महत्त्व प्राप्त जालां. मराठ्यांचे कारकिर्दींत कोंकण प्रदेश हो सागरी संरक्षणांत खूप महत्वाचो जाल्लो. मराठ्यांनी आनी विशेश करून छत्रपती शिवाजी राजान विजयदुर्ग, सुवर्णदुर्ग, सिंधुदुर्ग, मालवण किल्लो, पद्मगड, रायगड, विशालगड अशे गडगंज किल्ले बांदले. पद्मगडार ताणें संरक्षण - जहाजां बांदपाचो कारखानोय घातिल्लो. कुलाबा आनी मालवण हांगा मराठ्यांचीं मुखेल आरमारी - ठाणीं आसलीं. गोंय ह्या वाठारांत पुर्तुगिजांनीय आग्वाद, मुरगांव, जुंवें, खोरजुंवें, हळर्ण, काणकोण अशा सुवातिंनी आशिल्ले किल्ले हीं आपलें आरमार दवरपाचीं ठाणीं केल्लीं. तेभायर उत्तर आनी दक्षीण कन्नड प्रदेशांत तशें फुडें मलबार प्रदेशांतय, थळाव्या राजानीं आनी ब्रिटीश धरून युरोपी वसाहतवाद्यांनी आपल्या कारभारा खातीर अशी वेवस्था केल्ली.

कोंकणांत धार्मीक, सांस्कृतीक महत्त्व आशिल्ली जायती बांदावळ आसा. घारापुरी, कान्हेरी, कोंदिवटी, जोगश्वरी, मंडपेश्वर, मागाठणे, चंदनसार हांगाचीं लेणीं, कोंडाणे, पाल, करंज, जंब्रुग, कुडे, चिपळूण, खंड, दाभोळ, संगमेश्वर, गव्हाणे हांगाचे इतिहासीक शिलालेख तशेंच गोंय प्रदेशांत बांदोडें, रिवण, आनी हेरकडचे शिलालेख, तांब्यापटे आनी हेर पोत्री बरपावळ हे इतिहासीक दाखले आसात.

कोंकण हो प्रदेश देवभूंय आनी तीर्थभूंय म्हणून प्रसिद्ध आसा. चिपळुणचो परशुराम कोळथऱ्याचो कोळेश्वर, राजापूरचीं गंगाकुंडां, गोंयची शांतादुर्गा, मंगेश, विजयदुर्गा, दामोदर, सप्तकोटेश्वर, कामाक्षी, महालक्ष्मी, रामनाथ, नागेश, देवकीकृष्ण, कालिका, वेंताळ, रवळनाथ, सँट झेवीयर आनी हेर इगर्जी, कर्नाटकांतले गोकर्ण, मुर्डेश्वर, धारेश्वर, कृष्णमठ, धर्मस्थळ, कद्री मंजुनाथेश्वर, दुर्गा परमेश्वरी, करिकानम्म, गोमटेश्वर

आदी कोंकणांतलीं प्रसद्ध धर्मस्थळां आसात.

कोंकणाची जमीन मध्यम दर्जाची आसा. पूण सह्याद्री पर्वताचे आडवणीक लागून हांगा पावस व्हड प्रमाणांत झडटा. तेखातीर हांगा आसा ते जमनितल्यानय बरी पिकावळ मेळटा. भरपूर पावसाक लागून भात, नागली, वरी सारखीं पिकां बरी येतात. दयदिगेचे लाव मेळिल्ल्यान हांगा नाल्ल (माड), सुपारी (माडी), काजू - गर (काजी), आंबो, पणस, भिण्णांचें व्हड उत्पन्न मेळटा. हांगाच्यान आंबो, काजू - गर सुपारी, सोलां (भिण्णां) मुंबय तशें हेरकडेन निर्यात जाता. हांगाचो हापूस आंबो भारतभर आनी भारताभायर प्ररदेशांतय निर्यात जाता. गोंयचो मानकुराद आंबोय असोच खूप रूचिचो आसा. कोंकणांत एक लांबची लांब दयदिग मेळिल्ल्यान आनी सबंध कोंकणांतल्यान बऱ्योच न्हंयो अरबी दर्याक मेळटा जाल्ल्यान, महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक ते केरळमेरेन नुस्तेमारी व्हड प्रमाणांत जाता. हांगा खूप धार्मीक थळां दर्यावेळो आनी हेर पर्यटनाच्यो सुवाती आशिल्ल्यान पर्यटन उद्योगय हांगा बरो चलता. महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटक राज्यांतल्या ह्या प्रदेशांत खनीज (मॅगनेज, बॉक्सायट, लोखण, क्रोमाईट) साठे उपलब्ध आशिल्ल्यान खण - उद्योग हो हांगचो एक मुखेल उद्योग आसा.

मुंबय, साश्टी, खांदेरी, उंदेरी, घारापुरी, अंजदीव दयदिगेकडेन जुंवे आसात. मुंबय आनी मुरगांव (मार्मागोवा) अशीं दोन व्हड सैमीक बंदरां आसात. तशींच ल्हान ल्हान बंदरां खूप आसात. दमणगंगेपसून दक्षिणेक वैतरणा, तानसा, उल्हास, कुंडलिका, भोगावती, सावलित्री, गायत्री, वाशिष्ठी, शास्त्री, मांडवी, जुवारी आनी गंगावळी, काळी ह्यो कोंकणांतल्यो मुखेल अशो न्हंयो. रेड्डी, मालण आनी रत्नागिरी हांगा लोह धातू खनिजां आसात. बांदा आनी फोंडें हांगा मँगॅनीज आनी ठाणे, कुलाबा, रत्नागिरी जिल्ल्यांत बॉक्साइट मेळटा. कणकवली हांगा क्रोमाइट, रत्नागिरी हांगा इल्मेनाइट आनी हेर सुवातिनीं कंवचेखातीर लागपी वाळू, अशीं हेर खनिजां आसात.

कोंकणांतले शिलालेख आनी ताम्रपटां वरवीं अशें दिसून येता, की एका काळार साश्टी आनी मुंबयच्या दक्षिणेकडले कांय भागांत बौद्धांचे वर्चस्व आशिल्लें. इ. स. पू. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांत हांगा मौर्य राजांचो अंमल आशिल्लो. सोपारा ही अशोकाची ह्या भागांतली राजधानी आशिल्ली, अशें प्राचीन साहित्यावयल्यान दिसता. पयल्या शेकड्यांत हांगा सातवाहनांचे अधिराज्य आयलें. तांचे राज्य तिसऱ्या शेंकड्यामेरेन तिगलें. चौथ्या आनी पाचव्या शेकड्यांत कलचुरी राजा, सव्या शेंकड्यांत परत मौर्य, सातव्या शेंकड्यांत चालुक्य आनी 810 ते 1260 मेरेन वीस शिलाहार राजा हांगा जाले. देवगिरीचो महादेव यादव (1260-70) हाणें स्वारी करून कोंकण आपल्या राज्याक जोडलें. 1347 त नागरदेव यादवाचो गुजरातच्या सुलतानान पराभव केलो, तेन्नासांवन 1600 मेरेन बहामनी, आदिलशाही, निजामशाही आनी हेरांच्यो



मिठागर

मुसलमानी सत्ता कोंकणांत वेगवेगळ्या भागांत तिगल्यो. थळावो कारभार मात देसाई, देशमुख, देशपांडे, कुलकर्णी आनी हेर हिंदू अधिकाऱ्यांकडेन आशिल्लो. सिद्दी 1500 च्या सुमाराक जंजिऱ्याक आयले आसूं येतात. मुसलमानी सैन्यांत अधिकाराच्या जाग्यांचेर बरेच सिद्दी आशिल्ले. त्या काळार चेऊल आनी दाभोळ हीं व्हडलीं बंदरां सुरत आनी गोंय हांच्या बरोबर आशिल्लीं. तेभायर डहाणू, तारापूर, केळवे, अगाशी, वसई, वांद्रे, माहीम, नागोठणे, श्रीवर्धन, जैनापूर, खारेपाटण, राजापूर हें गांव महत्वाचे आशिल्ले. सोळाव्या शेकड्यांत सुरवातेक पुर्तुगेज कोंकणांत आयले आनी थंय आपली सत्ता चलोवपाक लागले. ताणी 1510 त आदीलशहाकडल्यान गोंय प्रदेश हातासलो. व्यापारापरसूय धर्मप्रसाराकडेन तांचो चड कल आशिल्लो. 1661 त पोर्तुगिजांकडल्यान इंग्रजांक मुंबय जुंवो मेळ्ळो आनी 1661 त ताणीं पुर्तुगिजां कडल्यान कोचीन घेतलें. 1739 त चिमाजी अप्पान वसई घेतकीच पुर्तुगीज फकत गोंयांतूच रावले आनी स्वातंत्र मेळ्ल्याउपरांत भारतान 1961 त गोंयची सुटका करतकच गोंय, दमण आनी दीव अशा प्रदेशांतलो कोंकणांतली पुर्तुगीज सत्ता गेली. गोंयांत आनी गोंयांभायर साश्टी, वसई, ठाणे, रेवदंडा भागांत तांचे सत्तेचे अवशेष किल्ले, बुरूज, देवळां आनी हेर रूपांनी दिसतात.

शिवाजी महाराजाच्या काळांत कोंकणांत म्हत्त्व आयलें आनी पेशव्यांच्या कारकिर्दींत तें चड वाडलें. शिवाजीन रायगड, बिरवाडी, लिंगाणा प्रतापगड आनी हेर दोंगराळ किल्ले, तशेंच सिंधुदुर्ग, सुवर्णदुर्ग, रत्नागिरी, जयगड, अंजनवेळ, कुलाबा, विजयादुर्ग आनी हेर दर्या देगेवयले किल्ले बांदले. मालवण हांगा आरमाराचे (सागरी सैन्य) ठाणें केलें. पद्मगड हांगा व्हडल्यो बोटी (जहाज) बांदपाचो कारखानो आशिल्लो. दाभोळ कल्याण, वसई, राजापूर, महाड हें गांव तेवेळार भरभराटीचे आशिल्ले. संभाजीनय कोंकणांत आपलो शेक गाजयलो. अठराव्या शेकड्यांत सरखेल आंग्रे हाणें आपल्या प्रबळ आरमाराच्या (सागरी सैन्य) नेटार मुंबय ते सावंतवाडीमेरेनच्या पुराय कोंकणांचेर आपलें वर्चस्व प्रस्थापीत केल्लें. ताणें सिद्दी, मोगल, इंग्रज आनी पुर्तगीज ह्या सगळ्यांक दहशत बसयिल्ली. पेशव्यांनी सिद्यांकडसून मुलूख परत मेळयलो. पुर्तुगेज गोंयांत गेले. इंग्रज मुंबयत रावले आनी जंजिरा आनी जव्हार हांगा ल्हान राज्यां सोडून चडशे सगळे कोंकण 1741 च्या सुमाराक मराठ्यांच्या ताब्यांत आयलें. 1818 त सप्टेंबरांत कोंकण इंग्रजांच्या ताब्यांत आयलें. ते 1947 त हेर भारतीय प्रदेशावांगडा स्वतंत्र भारतांचे जालें. फकत गोंय, दमण आनी दीव पुर्तुगिजांकडेन उरलें. 1961 त हेय प्रदेश भारतांत विलीन जाले.

**- सं. मं.**

**- अरुण उभयकर**

**कोंकणांतल्यो परबो (हिंदुच्यो)** : संवसार पाडवो वा गुडी पाडवो (चैत्र शुद्ध प्रतिपदा), नागपंचम (श्रावण शुद्ध पंचम), सुता-पुनव (श्रावण पुनव), नव्या पंचम (श्रावण वद्य पंचम), चवथ (भाद्रपद शुद्ध चतुर्दस), दसरो (आश्वनी शुद्ध दशमी), दिवाळी (आश्वनी वद्य चतुर्दस वा नरकचतुर्दस वा धाकली दिवाळी), लक्ष्मीपुजन (आश्वनी उमास), गोरवां पाडवो (कार्तीक शुद्ध प्रतिपदा), धेंडलो, तुळशी लग्न (कार्तीक वद्य द्वादस/व्हडली दिवाळी), मकरसंक्रांत, शिगमो (फाल्गून पुनव), होळी, रामनम, (चैत्र शुद्ध नम), गोकुळाष्टम (श्रावण वद्य अष्टम), दत्तजयंती (मार्गशिर्ष शुद्ध पुनव), शिवरात्र (माघ वद्य चतुर्दस) कोजागिरी.

**कोंकणांतलीं व्रतां (हिंदुचीं)** : वडापुनव (जेश्ट - पुनव), आशाढी एकादस (आशाढ शुद्ध एकादस), मंगळागौर (श्रावणी मंगळार), श्रावणी आयतार (श्रावणांतले सगळे आयतार), हळदी - कुकूम (मकर संक्रांत ते रथसमाप्तीमेरेन) सत्यनारायण व्रत, संकश्टी, विनायकी, अंगारिकी, सोळा शुक्रार, सोळा सोमार,

अनंतव्रत, नवचंडी, शतचंड

**कोकणांतल्यो परबो (किरीस्तावांच्यो) :** इंत्रूज (कार्निवाल फेब्रुवारी), ईस्टर (पास्कां 1 मार्च), नातलां (ख्रिसमस - डिसेंबर), सांज्यांव (जून), आल्मां फेस्त (नोव्हेंबर), कणसां फेस्त (ऑगस्ट).

**कोकणांतल्यो मुसलमानांच्यो परबो :**
ईद, रमझान.

**कोंकणांतलीं खाणां-जेवणां (शिवराक):** जेवण : शीत - रोस, शीत - वत्र, शीत - कडी, शीत - कुंवळ, पेज, आंबील.

**भाजी :** तायकिळो, म्हसींग, लूत, आळू, तेरें, कुड्डूक, तांबडी, धवी भाजी, वाल, शेपो, चवळी, पानां कांद्यापाती, दुदया फुलां, आंकूर, किल्ल, अळमीं, केळिची बोणी.

**शाक :** (घर दुदी, कोंकण दुदी, घोसाळीं, तवशीं, भेंडे, वाल, वायंगीं, तेंडलीं, पडोळीं, कुंवाळो, कोयतेवाल, कारातीं, कणंगां, मुळो, गड्डे, नाब)

रोस : (मूग, चणे, चवळ्यो, तूर, मसूर, अळसांदे, आवरे.

उसळ : (मूग, चणे, अळसांदे, चवळी)

गांठी : (मूग, चणे)

सांसंव : (आंबो, आंबाडो)

पापड, लोणचें (आंबो, बिमलां, लिंबू) वड्यो, दांगर, तळिल्लीं कापां (केळीं, बटाट)

खतखतें : (भाज्ज्यों आनी कड्डण).

**कोकणांतलीं खाणां-जेवणां (मांसाहारी):**
नुस्तें : शीत-हुमण (नुस्त्याची कडी), तळिल्लें नुस्तें, भाजिल्ले जितें नुस्तें, भाजिल्लें सुकें नुस्तें, हुड्डामेथी, नुस्त्या सुकें, नुस्त्या दबदबीत, कालवां-तिसऱ्यां सुकें, कोंग्यां-सुकें, कालवां-तिसऱ्यां दांगर किसमूर, शिनाण्यो (तळिल्ल्यो)

मटन : शागोती (कुकडां, बोकडां, घर-धुकर, रान-धुकर, आनी कांय हेर रान सावदां आनी सुकणीं), तांतयां (कोंबी, हांयस) उकडलेलीं, तळिल्लीं, तांतयां-किसमूर, तांतयां ऑमलेट, केक, दोदोल, बेबिंका, मांडारे, दोस.

**गोडशीं (पातळ) :** सोजी, खीर, मनगणें, कण्ण, पायस, गुळणी, आमरस, शेंवयो.

**गोडशीं (सुकीं) :** सान्नां, पातोळ्यो, पुरणपोळ्यो, येलापे, धोणस, आटवल, साकरभात, सांजो, शिरो, शिकरण, खिचडी, हालवो (आंबो, केळें, अनस), लाडू, कापां, चकऱ्यो, शंकरपाळी, नेवऱ्यो, म्हानां, घोंस (कणगां),शेव-चिवडो, पानके, जिलोब्यो, मुरचळ्यो.

वडे, पुरयो, भाकरी, चपाती, पोळे, फोव, पोस (खरवस), खाजें, रेवड्यो.

**कोंकणांतल्यो वस्ती (अळंकार) :**

**बायलांच्यो वस्ती : माथ्यार (केंसार) घालपाच्यो**, : भांगतिळो, कडकडी (हालती फुलां) चाफ्यां आटी, सुरंगां, गुलाब फूल, पांखे, मोर, केगद, कुट्टरें, आंबाड्या जाळी, विणयेवयले गोंडे.

**कानांत घालपाच्यो : कानाचे पाळयेक :** वेडी, वट्टू, रिंगां, डूल, नक्षीदार लांबतीं कानांतलीं, भीकबाळी (दादल्याची)

**वयल्या कानांत :** बुगडी, वाळी, पिली, घुमली.

**मदल्या कानांत :** काला फुरां, रिंगा

**सबंद कानाक :** कानाकृती पुराय वा अर्द कान

**नाकांत घालपाच्यो :** पिली, वाळी, नथ, दांडो, शेंकलें.

**गळ्यांत घालपाच्यो :** मंगळसूत्र (म्हूर्तमणी), दावल, गळसरी, माळ, हार, कोंत, गोफ, गांठलें, शेडो, सरपळी (दादलो आनी बायल)

**कमराक घालपाच्यो :** कमरपटो, चावयां घोंस, कडें, काण (दादल्याचें), सरपळी (दादल्याची).

**भुजांक :** बाजुबंद, फीत

**हातांत घालपाच्यो :** कांकणां, गोट, पाटल्यो, तोडो, पिचोडी, मास्कोत (दादल्याची), घडयाळी पटो (दादलो आनी बायलांची)

**हाताच्या बोटांक घालपाच्यो :** मुदी, दसंगण.

**पावलांक घालपाच्यो :** पांयजणां, झंझर, तोडे, लुलां.

**पांयाच्या बोटांक घालपाच्यो :** वेडे, मुदयो, मासोळ्यो, बिंदलां, सर्लां.

**भुरग्यांच्यो :** घागरपाट, वाळे, मणकुट्यो, पदक, जनऱ्यो, कडें, पिंपळा-पान, आंबलो, सरपळी, माळ, कानांतलीं.

**पुरक नोंद : कोंकणाख्यान**

**- सं. मं.**

**कोंकण रेल्वे :** भारतीय रेल्वे येरादारी आनी रेल्वे येरादारी सेवा - उद्योगांतलो विसाव्या शेकड्यांतलो एक म्हत्त्वाकांक्षी प्रकल्प. कोंकण रेल्वे निगम (KRC) ह्या नांवान चलपी हो अशेतरेचो भारतीय रेल्वे इतिहासांतलो पयलोच यशस्वी प्रयोग अशें मानतात.

कर्नाटक गोंय आनी महाराष्ट्र अशा तीन राज्यांचो आस्पाव आशिल्ली ही कोंकण रेल्वेची येवजण. 1978 वर्सा, तेन्नाचो रेल्वेमंत्री आनी करावळी (कर्नाटक) प्रदेशाचे प्रतिनिधी आशिल्लो कोंकणी मनीस, जॉर्ज फेर्नांडीस, हाच्या मार्गदर्शनाखाला 'कोंकण रेल्वे निगम' स्थापीत जाल्लो. ही येवजण 1978 त कार्यरत जाली आसली तरी ताचें पयलीं, खूप आदीं सावंन, कोंकण प्रदेशांतल्या राजकीय, सामाजीक, उद्योगीक फुडाऱ्यांनी, कोंकण रेल्वेची कल्पना मांडून तिचेर लोकांचे, सरकाराचें आनी रेल्वे येरादारी यंत्रणेचें लक्ष ओडिल्लें. कोंकण सारखिल्या अविकसीत प्रदेशाचे उदरगतीखातीर, ह्या प्रदेशांत रेल्वेची सुविधा आसप सामकें गरजेचें, ह्या विचारांतल्यान हो विशय कोंकणांत घोळटालो.



सादर सेवा

न्हंयो, दोंगर, रानां, शेतां, दर्यांचो आस्पाव आशिल्ल्या, कोंकणासारख्या अवघड प्रदेशांत, हो प्रकल्प यशस्वी करून, दाखोवप एक व्हड आव्हान आसलें. हें आव्हान कोंकण निगमाचो अध्यक्ष इ. श्रीधरन आनी ताच्या तांत्रीक तशे प्रसासकीय सहकाऱ्यांनी स्विकारलें. प्रयत्नांची शिकस्त करून ताणीं हो प्रकल्प 26 जानेवारी 1998 दिसा, पयली ट्रेन सावंतवाडी ते मडगांव अशी चालू करून यशस्वी केलो. 760 किलोमिटर लांबायेचो रेल्वे मार्ग, आनी ताचेवयले 179 व्हडले आनी सुमार 1819 ल्हान पूल, 92 बोगदे


रो-रो सेवा



रेल्वे पॅसींजर

(बोगद्यांची एकंदर लांबाय 84 किलोमिटर) आनी 53 मुखेल स्टेशनां आशिल्ल्या ह्या प्रकल्पान पुराय जावपाक सुमार वीस वर्सां घेतलीं. प्रत्यक्षांतलो वावर सुमार बारा वर्सां चल्लो.

760 किलोमिटर लांबायेचे कोंकण रेल्वेचो महाराष्ट्रांत 382 किलोमिटर, गोंयांत 105 किलोमिटर आनी कर्नाटकांत 273 किलोमिटर मार्ग आसा. ह्या मार्गावयल्यान जावपी येरादारिची सेवा फकत महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटकापुरतीच उरना तर तिचो लाब केरळ, गुजरात, मध्यप्रदेशाकय जाता. हे सेवे अंतर्गत प्रवासी आनी माल सेवेचोय आस्पाव जाता. कोंकण रेल्वेन आनीक एके आगळें अशे सेवेक सुरवात केल्या. हे रो-रो (Roll on - Roll off) सेवेंत मालान भरिल्ल्या ट्रकांची, रेल्वेन तयार केल्ल्या खाशेले यंत्रणेवरवीं, येरादारी जाता. ट्रकांमयत मालाची येरादारी करपाची सुरवात 1999 त जाली. ही सेवा तीन मार्गांनी चलता. एक, कोलाड ते वेर्णा, ह्या 417 किलोमिटर लांबायेचे मार्गार मुंबय, रायगड आनी वाटेवयल्या हेर उद्योगीक केंद्रांतल्या मालाची हाड - व्हर 24 वरांभितर जाता. दुसरो, 721 किलो मिटरांचो कोलाड ते सुरतकल 40 वरांचो मार्ग आनी तिसरो, वेर्णा ते सुरतकल ह्या मार्गार 10 वरांचो प्रवास जाता. हे रो - रो सेवेचे तिट्टी फायदे जाता आनी ते फकत रेल्वेकच जाता अशें न्ही, तर हेरांकय जाता. ही सेवा कोंकण रेल्वेक फायद्याची थारल्या. सुरू जायत सांवन उप्रांतच्या धा वर्सांच्या काळांत रेल्वेक सुमार 120 कोटी रुपयांचें उत्पन्न मेळ्ळां. माल ट्रकांची येरादारी रेल्वे रुळावयल्यान जाता आशिल्ल्यान ट्रकांचो प्रवास रस्त्यार जायना आनी तेखातीर ट्रकांची झीज उणी जावंक पावता. तशेंच इंधनाची बचत जाता. समाजाखातीर हे सेवेचो व्हडलो फायदो म्हणजे, ट्रक हेर येरादारिच्या रस्त्यार येना आशिल्ल्यान, ह्यां रस्त्यांवयली येरादारी सुरळीत जावंक पावता. तशेंच अपघातांचें प्रमाण बरेंच उणें जाता.

कोंकण रेल्वेक 2010 त अमेरिकेंत रेल्वे मार्ग प्रणाली खातीर प्रतिश्टेचें टक्कर विरोधी उपकरणाचें पेटंट मेळ्ळां. यु. एस. पेटंट क्रमांक 77, 29, 819 बी 2 खाला हें पेटंट दिलां.

टक्कर विरोधी उपकरण रेलगाडयेक लायल्यार, फुडल्यान योवपी वा फाटल्यान योवपी रेलगाडयेची टक्कर टाळपाक शकता. तशेंच रेलगाडी ज्या मार्गावयल्यान चल्ल्या, ताच्या कुशिच्या रुळावयली रेलगाडी निसरली जाल्यार, तशेंच क्रॉसिंगाचेर एकादी गाडी आयल्यार, हीं यंत्रणां मोटरमॅनाक आदींच कळोवणी दिता. ताकालागून जावपी अपघातांचेर नियंत्रणां मेळूंक पावता. हीं यंत्रणां 2007 त सुरू जाल्ली. रेल्वे मंत्रालयान आतां मुळाव्या पावंड्यार पश्चीम रेल्वे, दक्षीण रेल्वे आनी मध्य रेल्वेंत ही टक्कर विरोधी उपकरण यंत्रणां बसोवपाचें काम सुरू केलां. 'रेल्वे मार्ग वळख प्रणाली' ह्या नांवान विकसीत जाल्ली हीं यंत्रणा रेल्वेगाडयेन चुकिचो रुळ घेतलो तर ताची शिटकावणी दितली.

स्काय बस नांवान मुखार आयिल्लो कोंकण रेल्वेचो आनीक एक प्रकल्प आसा. गोंयच्या मुखेल शारांक जोडपी जमनिवयल्या पुलासमान रेल - मार्गावयली ही प्रवासी - येरादारी आसतली. कांय तांत्रीक कारणांक लागून सद्याक हो प्रकल्प स्थगीत उरला.

कोंकण रेल्वे प्रकल्पाक लागून, कोंकण प्रदेशांतल्या अर्थकारणाक तशें समाजकारणाक बरे आयाम मेळूंक पावल्यात. भुगोलीक कारणांक लागून, कांय सो कुशीक उरिल्लो हो प्रदेश, कोंकण रेल्वेकलागून हेर प्रदेशांकडेन सोपेंपणीं संबंध जोडूंक पावला. सागरी प्रदेश आसूनय ह्या प्रदेशांत आदलेवरी सागरी येरादारी नाशिल्ल्यान, हांगच्या लोकांक कोंकणा भायल्या प्रदेशां कडेन संपर्क सादप कश्टाचें तशें वेळ खायरें जातालें. कोंकण रेल्वेन तें आतां सोंपें केला. ह्या प्रदेशांतल्या आर्थीक, सामाजीक, शिक्षणीक तशें हेर कार्यावळींक कोंकण रेल्वे सेवेचो खूप फायदो जावंक लागला. कोंकण रेल्वेचो प्रकल्प सुरू जाल्लो तेन्ना ह्या प्रकल्पावरवीं गोंयच्या प्रदेशांतल्यान जावपी येरादारिंतल्यान कांय अनिश्ट प्रवृत्तिचे नांवाडगे गोंयांत पावतले. ह्या नांवाडग्यांचो उपद्रव गोंयकारांक आनी विशेश करून दक्षीण गोंयकारांक भोगचे पडटलो. कांय कडेन खाजगी जमनिचेर हावळ येतली असो एक विचार तेन्ना जाल्लो. ह्या विचाराक धरून तेन्ना ह्या प्रकल्पाक दक्षीण गोंयांतल्यान विरोधय जाल्लो. पूण लोकांक फायद्याचो थारपी आशिल्ल्या अशा प्रकल्पांचो कांय जाणांकडसून जाल्ल्या विरोधाखातीर, विचार सोडून दिवप समा जायना. कोंकण रेल्वे प्रकल्पाची सद्याची परिस्थिती पळयल्यार तेन्नाचो विरोध हो काळाभायरो विरोध आसलो हें सिद्ध जाता.

**- सं.**

**- डॉ. गीता शेणै**

**कोंकणाख्यान** : कोंकणाख्यान हें ओवीबद्द, छंदोबद्द अशें मराठी काव्य आसून तातूंत कोंकण प्रदेशाची आनी खास करून गोंयची आदल्या काळांतली म्हायती दिल्या. स्कंद पुराणांत जो सह्याद्री खंड आसा, तातूंत 'कोंकणाख्यान' नांवाचें आख्यान रचलां, ह्या आख्यानाच्या कर्त्याविशीं तशेंच ताच्या लेखन काळाविशीं जाणकारांमदीं मतभेद आसात. कोंकणाख्यानांत आख्यान कर्त्याचो उल्लेख मेळना, तो आज्ञात आसा. रघुनाथ सिताराम देसाई संपादीत प्रतींत ग्रंथ निर्मणिविशीं उल्लेख आयला तो असो :

**भार्गव नक्षत्र परम पवित्र ॥**
**रमणीक मनोहर विचित्र ॥**
**तेथे ग्रामाभिधान शिवपूर ॥**
**तेथे हा ग्रंथ निर्मिला गोंडदेशी ब्राह्मण ॥**
**सासष्टी देशी अग्रहार स्छापन ॥**
**तेथे एक कौशिक गोत्री जाण ॥**
**तीर्थ पर्याटण करी**
**करितां पृथ्वी पर्याटण ॥**
**पहिलें शिवपूर भुवन**
**तेथें भेटले स्वयाती जन ॥**
**त्याणी अपेक्ष जाण पै केली ॥**
**ताच्या आक्षेपा भरणे ॥**
**सांगीतली हे पूर्व रचने ॥**

**सकळा जना**

**सांगितली संपूर्ण यथास्थिती**

कोंकणाख्यानाच्या लेखनकाळाविशीं जाणकारांमदीं अशेच मतभेद दिसतात. र. सी. देसाई संपादीत प्रतींत लेखनकाळ शके 1787 सांगला, तर 'बेळगाव समाचारा' न उजवाडायिल्ले प्रतींत हो काळ शके 1589 (इ. स. 1667) सांगला. श्रीपाद व्यं. वागळे हाणें उजवाडायिल्ले प्रतींत शके 1643 (इ. स. 1721) हो ह्या आख्यानाचो लेखनकाळ सांगला.

कोंकणाख्यानाच्यो पुस्तक रुपांतल्यो चार प्रती मेळटात. जे. जर्सन द. कुन्य हाणें 1877 त उजवाडायिल्लो 'सह्याद्री खंड', हरी भिकाजी सामंत हाणें 1909 वर्सा 'बेळगांव समाचार' छापखान्यांत छापून उजवाडायिल्लें 'कोंकणाख्यान' आनी रघुनाथ सीताराम देसाई संपादीत 1947 त उजवाडायिल्लें 'सह्याद्री खंड - पूर्वार्ध - उत्तरार्ध' अर्थात् 'कोंकणाख्यान'.

ह्या आख्यानांत परशुरामान निर्माण केल्ल्या कोंकण भुंयचो इतिहास, ताची व्याप्ती, शिमो, गांव, गांवचीं देवळां आनी देव, देवांचे ब्राह्मण, भजक आनी तांचो कुळवृतांत आनी हेर संबंदीत म्हायतीच्या तपशिलाचें वर्णन आयलां.

हें सगळें वर्णन पद्यांत म्हणजे श्लोक आनी ओवी बद्ध आसा. ह्या सह्याद्री खंडाक पुर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अशे दोन विभाग आसून, वट्ट 1303 ओव्यांभितर हें आख्यान सांगलां. पुर्वार्धांत फाटल्या इतिहासाचेर भर दिला, तर उत्तरार्धांत उपरांत जाल्ल्या ब्राह्मण जातींमदल्या वादावादिचें वर्णन आयलां.

कोंकणाख्यान हें कोंकण भुंयेच्या इतिहासापरस हे भुंयेवेल्या कोंकणी ब्राह्मणाचेंच आख्यान जावन आसा. ह्या आख्यानांत कोंकणी ब्राह्मणाचो कुलवृत्तांत आनी मानपानावेल्यान आयिल्ल्यो घुस्पटी हांचें वर्णन आयलां. सुर्वेकूच तो बरयलां : **न्या ग्रंथानाम कोंकणे ब्राह्मणाख्यान॥ जे गोमांचल देशामध्ये कोंकण म्हणोनी म्हणता कोंकणे ब्राह्मण॥ देशामिधान पैयासी॥1॥**

हे ग्रंथनिर्मणे फाटलो उद्देश सांगतना आख्यानकर्त्यान बरयलां :

**ज्ञाती मधोनी जे वालिता॥**
**त्याचें होता प्रायचित॥**
**त्याचा शरीर संबंध करूं इच्छितां**
**त्यासिया ग्रंथी उपदेश॥**
**पोषणा देती दुजेया तें॥**
**शरीर संबंध वर्ज दोन्ही गोत्रा ते**
**ऐसा विचार पाहाती त्यातें॥**
**या ग्रंथी उपदेश**

सह्याद्रीखंड पुर्वार्ध
अध्याय 1 (26-27)

**आगा आपुला ज्ञाती धर्म॥**
**आनी परंपरा आचार कर्म ॥**
**हे नेणे तो मुर्ख परम॥**
**मनुष्यांमाजी पशु तो ॥**
**आगा आपुला ज्ञातिकुलधर्म॥**
**जिवयोनी वर्तेतो ज्ञाना परम॥**
**उचीत अनुचीत कर्म॥**
**जाणे तो पुरुष स्वज्ञानी**

सह्याद्रीखंड पुर्वार्ध
अध्याय 1 (74-75)

कोंकणाख्यानाच्या खरेपणाविशीं कांय जाणांक दुबाव आसा. रघुनथ सीताराम देसाई, नारायण दत्तात्रय वरेकर, डॉ. श्री. व्यं. केतकर, पां. वा. काणे, शणै गोंयबाब हांच्या मतान कोंकणाख्यानांतली भाशा आनी प्रसंग पळयल्यार तें एकतर प्रक्षिप्त आसूंये वा मूळ लिखाणांत अडेची भर घालून तें लोकांमुखार दवरलां आसुंये. मुळांत तें एका पुराणांतले आख्यान जाल्ल्यान ताका इतिहासीक संदर्भ योवप कठीण जाता आनी ताका एके आख्यायिकेचें रूप प्राप्त जाता.

**- सं.**

**कोंकणी कथा :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी कविता :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी कादंबरी :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी तियात्र :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी त्रिवेणी कला संगम, मुंबय:** हौशी कलाकारांनी एकठांय येवन घडयल्ली एक संस्था. कलाप्रकार आनी खाशेलेंपणान नाटक सादरिकरणांतल्यान कोंकणी भास आनी संस्कृतायेचें दर्शन तशें संवर्धन करच्या उद्देशान ही संस्था 1980 वर्सा मुंबयच्या वडाळा उपनगरांत, श्रीराम देवळाच्या प्रांगणांत स्थापीत जाली. वेगवेगळ्या वेवसायांत मानाची सुवात जोडिल्ले आनी कलेचे आंग घेवन आशिल्ल्या समविचारी हौशी कलाकार हे संस्थेच्या पालवाखाला एकठांय जाले.

हे संस्थेच्या जाळवणदारांनी फाटल्या तीस वर्सांत पन्नास नाटकांचें सादरीकरण करून सुमार तिनशें प्रयोग केल्यात. मुंबय, कर्नाटकाचो करावळी प्रदेश, बेंगळूर, नवी दिल्ली, पुणे, बडोदें, हैद्राबाद, हुबळी, धारवाड, बेळगांव, नासीक, गोंय अशा प्रदेशांनी तांणी कोंकणी नाटकाचें प्रभावी सादरीकरण केलां. हातुंतली मुखेल नाटकां अशीं आसात : 'नंदादीप', 'सर्वेजन :', 'कांचनमृग', 'लग्ना पिशें', 'देवान साक्षी दिल्ली' 'गृहिणी गृहम्मुच्चले', 'सत्यव्रत कर्ण', 'दिवा जळू दे सारी रात' ह्या मराठी नाटकाचें रुपांतर आशिल्ल्या 'नंदादीप' ह्या चंद्रशेखर शणै दिग्दर्शीत नाटकाचे पन्नासावयर प्रयोग जाल्यात. तशेंच सर्वेजन', 'कांचन मृग' हाचें चाळिसावयर प्रयोग जाल्यात.

1995 त मंगळुरांत जाल्ल्या पयल्या विश्व कोंकणी संमेलनांत हे संस्थेक "विश्व कोंकणी कलारत्न" पुरस्कार मेळला. 2007 वर्सा हे संस्थेन आपलो रुप्या उत्सव मुंबयच्या नेहरू सेंटराच्या सभाघरांत व्हड दबाज्यांत मनयलो. त्यावेळार हे संस्थेन पयलो कोंकणी उत्सव आयोजीत केल्लो

**- डॉ. गीता शेणै**

**कोंकणी नाटक :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी निबंद :** पळयात → साहित्य कोंकणी

**कोंकणी परिशद, कुमटा :** कुमटा वाठारांत कोंकणीच्या मळार वावर करपी एक म्हालगडी संस्था. हे संस्थेची स्थापना कुमटा हांगा 1989 त जाली. अरुण उभयकर हो हे संस्थेचो संस्थापक अध्यक्ष आनी डॉ. शिवराम कामत हो संस्थापक कार्यदर्शी आसलो.

हे संस्थेन 1990 त केरळचो पुरुषोत्तम मल्ल्या हाचें अध्यक्षतेखाला पयलें अखिल कर्नाटक कोंकणी संमेलन घडोवन हाडलें. 2004 वर्सा हे संस्थेन अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन कोंकणी लेखक श्री महाबळेश्वर सैल हाचे अध्यक्षतेखाला कुमटा हांगा घडोवन हाडलें. साहित्यासंबंधी परिसंवाद, कार्यशाळा, सर्ती आयोजीत करून नव्या लेखकांक मार्गदर्शन करपाचें काम ही संस्था सातत्त्यान करता. तशेंच ओव्यो, हुमाणी, ओंपारी, भजन, लोकनाच अशो लोकवेदावयलो कार्यावळी आयोजीत करून कोंकणी लोकवेदाचें दर्शन घडयता.

कोंकणी साहित्याक उर्बा दिवच्या उद्देशान कोंकणी लेखकांची पुस्तकां प्रकाशीत करूंक ही संस्था आर्थीक पालव दिता. व्ही. आर. सिवाड हागेल्या 'पारिजात' कविता संग्रहाक आनी अरुण उभयकर हागेल्या 'पांचजन्य' नाटकाक असो आर्थीक पालव दिला. दर वर्सा ही संस्था ऑगस्ट म्हयन्यांत कोंकणी मान्यताय दीस व्हड दबाज्यान मनयता. कुमटा वा कर्नाटक, महाराष्ट्र,

गोंय हांगा जावपी प्रादेशीक, राष्ट्रीय कोंकणी कार्यावळिनीं हे संस्थेचे पदाधिकारी व्हड आस्थेन सहभागी जावंन आपलें योगदान दिता.

**- अरुण उभयकर**

**कोंकणी भाशा आनी संस्कृती केंद्र, कारवार :** कारवार वाठारांतली, कोंकणीचो वावर करपी एक म्हालगडी संस्था. हिची स्थापना 1989 वर्सा कारवारा जाली. ह्या वाठारांतली ही पयली अशी अधीकृत कोंकणी संस्था आसा.

ह्या वाठारांत कोंकणी भाशेची ओड आशिल्ले आनी ते भाशेखातीर वावुरपी जायते लोक आसले. पूण एक अधीकृत संस्था नाशिल्ल्यान ह्या वावराक जाय तसो वेग आनी आकार मेळनासलो. 1939 वर्सा, कारवारांत स्थापन जाल्ले, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो भांगरा उत्सव, तिचे जल्मगांवांत, म्हणजे कारवारांत घडोवन हाडचो अशें थारलें. ही संद घेवन हांगच्या कोंकणी प्रेमींनी 1989 वर्सा ही संस्था अधिकृतपणान घडयली. हे संस्थेचे संस्थापक अध्यक्ष पुरुषोत्तम देसाई, संस्थापक सचीव दीपक गांवकार, भांडारी एन्सलेट आंद्राद अशी एक समिती घडयली. हे संस्थेन 8 जुलय 1989 दिसा अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो भांगरा - उत्सव, एक नामनेचे पत्रकार एम. व्ही. कामत हाचें अध्यक्षतेखाला, व्हड दबाज्यान मनयलो. तशेंच 1992 वर्सा (10 आनी 11 फेब्रुवारी) अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें पयलेच फावट गोंयांभायर जावपी, इकरावें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन, विंगड विंगड साहित्यीक, सांस्कृतीक कार्यावळी सादर करून आयोजीत केलें. मदीं, ह्या वाठारांत कोंकणी जागरणाचें काम करच्या उद्देशान जायत्यो साहित्यीक, सांस्कृतीक, सामाजीक, शिक्षणीक कार्यावळी केल्यो.

कारवार आशिकुशिचो कोंकणी वाठार, गोंय राज्यांत आस्पावन घेवपाचे चळवळिचो वांटो म्हणून, नारायण नायक गांवकार, हाचे अध्यक्षपणाखाला "संयुक्त गोमंतक मंच" नांवाची संस्था घडोवपाक कोंकणी भाशा आनी संस्कृती केंद्र हे संस्थेन फुडाकार घेतलो.

आयज ह्या वाठारांतले कोंकणी चळवळीक हे संस्थेचो आदार आनी मार्गदर्शन मेळटा.

**- सं. मं.**

**कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय :** कोंकणीचे भाशीक, शिक्षणीक, साहित्यीक आनी सांस्कृतीक उदरगतिचो वावर करपी गोंयांतली मुखेल संस्था. बाणावले गांवांतले पेद्रू कुर्रेय आफोंस हो ह्या संस्थेचो संस्थापक अध्यक्ष. 30 सप्टेंबर 1962 दिसा हे संस्थेची स्थापणूक मडगांव शारांत जाली. तेन्नासांवन सुमार 34 वर्सां ह्याच शारांत हे संस्थेचे मुखेल कार्यालय आसा. 1994 वर्सा विद्यानगर आकें मडगांव हांगासर स. पंढरीनाथ लोटलीकर हाणें दोन केल्ले जमनीर कोंकणी भवन नांवान हे संस्थेन आपली स्वतंत्र इमारत बांदली.

कोंकणी भाशा मंडळाचो कारभार मंडळाची वावुरपी समिती चलयता. समितिचो कार्यकाळ दोन वर्सांचो आसता. दोन वर्सांनी वेंचणूक जाता. ह्या वेंचणूकेंत 12 वांगडी वेंचून काडटात. तशेंच अकरा म्हालांतल्यान एक एक वांगडी समितिचेर धाडटात. वावुरपी समितीक तीन स्विकृत वांगडी घेवपाचो अधिकार आसता. वावुरपी समितिची दर म्हयन्याक एक फावट बसका जाता. मंडळाचे सध्याक 1700 वयर सर्वकाळ वांगडी आसात.

**उददेश :** कोंकणी भास, साहित्य, शिक्षण, संगीत आनी संस्कृताय हांची उदरगत करप आनी कोंकणी लोकांचे सांस्कृतीक हितसंबंध सांबाळप आनी मुखार व्हरप हो मंडळाचो मुखेल उद्देश आसा. हे खातीर सभा, प्रदर्शनां, परिसंवाद, बसका, कार्यशाळा, संगीत महोत्सव, परिशदो, संमेलनां घडोवन हाडप, तशेंच कोंकणी शिक्षकां खातीर वर्ग चलोवप, कोंकणी शिक्षणा खातीर साहित्य तयार करप, कोंकणी शिकपी विद्यार्थ्यां खातीर कार्यशाळा घडोवन हाडप, कोंकणीच्या वावुरप्यां



कोंकणी भवन

खातीर कार्यशाळा आनी संमेलनां घडोवन हाडप, नवोदीत लेखकां खातीर कार्यशाळा घडोवन हडप, शब्दकोश आनी उतरावळी संपादून उजवाडाक हाडप, कोंकणी साहित्याच्या अभ्यासकांक पालव दिवप आनी तांचें साहित्य उजवाडाक हाडप, कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचे विशी संशोधन करप, संशोधकांक पालव दिवप आनी तें संशोधन उजवाडाक हाडप आनी कोंकणी भास, साहित्य, संगीत आनी संस्कृताय हांचे उदरगती खातीर कलेच्या मळार वावर करपी वावुरप्यांक आनी संस्थांक पालव दिवप.

**वावर :** कोंकणी भाशा मंडळाची स्थापना जायतसांवन मंडळ आपणाल्या उद्देशांक धरून वावर करीत आसा. कोंकणींतल्यान मुळावें शिक्षण दिवपाच्या मळार मंडळान जायतो वावर केला. मुळाव्या, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक आनी विद्यापीठ पांवड्यार लागपी पाठ्य पुस्तकां आनी पुरक पुस्तकां मंडळान तयार केल्यांत आनी उजवाडाकय हाडल्यांत. बालशिबिरां, नाट्य - शिबिरां, सांस्कृतीक कार्यावळी, हांचेवरवीं मंडळ कोंकणी जागृतायेचें कार्य एकसारके करीत आसा. मंडळ अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेकडेन संलग्न आसा. देखून परिशदेचीं अधिवेशनां घडोवन हाडपाच्या वावरांत मंडळान वांटो घेतला, कोंकणी लेखक संमेलनांय मंडळान घडोवन हाडल्यांत.

कोंकणी शिक्षणाच्या मळार मंडळ वावरत आसा. मंडळ मडगांवां 'विद्याभुवन कोंकणी शाळा' नांवाची प्राथमिक शाळा चलयता. ही शाळा विद्यानगर मडगांव हांगा आशिल्ल्या कोंकणी भवनांत चलता. मडगांव शारांतली एक उत्कृष्ट शाळा म्हूण लोक ह्या शाळेकडेन आदरान पळयतात. 2012 वर्सा सावन मंडळान इंग्लीश माध्यमांतल्यान माध्यमीक शाळा सुरू केल्या. शिक्षकांक कोंकणीचें प्रशिक्षण दिवपाखातीर 'कोंकणी शिक्षक सनद' नांवाचो अभ्यासक्रम मंडळान जायतीं वर्सां चलयला.

कोंकणी बरोवप्यांक उर्बा दिवपा पासत मंडळ 'कोंकणी' दिवाळी अंक उजवाडाक हाडटा. तशेंच दर म्हयन्याक 'कोंकणी' अंक उजवाडाक हाडटा. नाताळाच्या निमतान 'नाताळ अंक' मंडळ उजवाडाक हाडटा. तशेंच गोवा युवा महोत्सवाक दर वर्सा एक अंक उजवाडाक हाडटात. तरनाट्या कवींक उर्बा मेळची म्हूण मंडळ बाकिबाब यादस्तीक काव्योस्तव घडोवन हाडटा. कोंकणी भाशा मंडळाचे संस्थापक पेद्रू कुर्रेय आफोंस हांची 29 जुनाक जयंती, 23 जूनाक कोंकणीचे युगपुरुस शणै गोंयबाबांची जयंती मंडळ घडोवन हाडटा. ह्या दोगांच्याय जयंती निमतान व्याख्यान, कोंकणी विद्यार्थ्यांखातीर अभ्यास भोंवडी, वेगवेगळ्या सर्तीचे आयोजन मंडळ गोंयभर करता.

**शणै गोंयबाब कथामाळ :** शणै गोंयबाबाच्या 125 वी जयंती निमतान 2001 वर्सा शणै गोंयबाब कथामाळेचे आयोजन गोंय पांवड्यार मंडळान केल्लें. आयज ही कथामाळ एक मंडळाची मुखेल कार्यावळ जाल्या.

गोंयच्या अकरा म्हालांत ही सर्त जाता आनी अंतीम सर्त मडगांवा भवनांत जाता. वर्सान वर्स ह्या सर्तीक वाटेकार जावपी स्पर्धकांचो आंकडो वाडत आसा. आयज गोंयांतली एक उत्कृष्ट कथाकथन सर्त म्हणून हया कथामाळेकडेन पळयतात.

**गोवा युवा महोत्सव** : गोंय, गोंयकारपण, कोंकणी भास आनी अस्मिताय दोळ्यांमुखार दवरून तरनाट्यांक ताचो दिश्टावो जावंचो आनी तरनाट्यांक एक सांस्कृतीक माची मेळची ह्या उद्देशान 1996 वर्सा गोवा युवा महोत्सव मंडळान जल्माक घालो. पयले 5 महोत्सव मडगांवां जाले आनी गांवांगांवांनी महोत्सव पावचो ह्या उददेशान मंडळान फुडले महोत्सव गांवांनी केले. ज्या ज्या गांवानी हे महोत्सव जाल्यात थंय थंय कोंकणीची एक फौज तयार जाल्ली पळोवंक मेळटा. ह्या महोत्सवाचें उक्तावण फाटलीं साबार वर्सां गोंयच्या मुखेलमंत्रांच्या हस्तुकीं जालां. सुमार सात- आठ हजारावयर लोकांची उपस्थिती ह्या महोत्सवाक आसता. गोंयांतले शिक्षणीक संस्था, सामाजीक संस्था, सांस्कृतीक संस्था अशे 50 वयर पंगड ह्या महोत्सवांत वांटेकार जातात. देड हजारावयर सर्तकांचो सहभाग ह्या महोत्सवांत आसता. ह्या महोत्सवांत एकाच वेळार तीन कडेन सर्ती चालू आसतात. दोन दिसांच्या ह्या महोत्सवांत दुसऱ्या दिसा सांजवेळा इनामां वांटपाचो सुवाळो जाता. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पावंड्यार नांव मेळयिल्ल्या गोंयकार कलाकारांक हाडून तांच्या हस्तुकी इनामां जैतिवंताक भेटोवपाची एक परंपरा युवा महोत्सवांत आसा. गोवा युवा महोत्सवांत वांटेकार जाल्ले कितलेशेच तरनाटे आयज गोंयच्या सामाजीक, सांस्कृतीक, साहित्यीक, राजकीय, शिक्षणीक मळार पर्जळटना दिसतात. तरनाट्यांक आपल्या अस्तित्वाचो आनी गिरेस्त संस्कृतायेचो दिश्टावो घडोवपी हो महोत्सव गोंयांत जावपी महोत्सवांतलो एक मुखेल महोत्सव जाला. दर वर्सा ह्या महोत्सवाचे आयोजन मंडळ करता. 16 महोत्सव आयजमेरेन जाल्ले आसात.

**अखिल भारतीय कोंकणी संगीत संमेलन :**

पयलें अखिल भारतीय कोंकणी संगीत संमेलन मडगांवां घडोवन हाडलें. भारतभर शिंपडिल्ल्यां कोंकणी कलाकारांक एकठांय हाडचें आनी कोंकणी संगीत गिरेस्त करपाच्या उददेशान संगीत संमेलनाचो जल्म जालो. तीन वर्सा उपरांत दुसरें संगीत संमेलन पणजे जालें. मुखार दर तीन वर्सांनी संमेलन करपाचें मंडळान थारायलां. ह्या संगीत संमेलनांतल्यान कोंकणी संगीत नाटक अकादमीचो जल्म जालो. ह्या अकादमीन कोंकणी नाटक आनी संगिताच्या वावराक खांद माल्ला.

**कोंकणी भवन** : 1994 वर्सा मंडळाच्या वावुरपी समितीन कोंकणी मनशांच्या आनी बऱ्या मागप्यांच्या आदारान विद्यानगर मडगांव हांगा इमारत बांदली. ह्या इमारतींत विद्याभुवन कोंकणी शाळा तळमजल्यार चलता. त्या भायर शणै गोंयबाब वाचपघर आनी संशोधन केंद्र, राजाराम मोहन रॉय पुस्तकालय प्रतिश्ठानाचें 'बालांगण' हें ल्हान भुरग्यांखातीर आशिल्लें वाचपघर आसा. कोंकणी भवनांत एक प्रशस्त अशें सभाघर आसा. कोंकणी संगीत नाटक अकादमीची कचेरी आनी मंडळाची कचेरी पयल्या माळयेर आसा. कोंकणी अकादमीचो 2007 वर्साचो उत्कृश्ट संस्था पुरस्कार मंडळाक फावो जाला. मंडळाचें उप कार्यालय पणजे आसा.

**शणै गोंयबाब वाचपघर आनी संशोधन केंद्र** : शणै गोंयबाबांच्या 125 व्या जयंती निमतान 2001 वर्सा मंडळान शणै गोंयबाब वाचपघर आनी संशोधन केंद्राची स्थापणूक भवनात केली. आयज ह्या वाचपघरांत कोंकणी, हिन्दी, मराठी आनी इंग्लीश भाशेंतली वीस हजारावयर पुस्तकां आसात. वाचक, विद्यार्थी, अभ्यासक आनी संशोधक ह्या वाचपघराचो लाब घेतात.

शणै गोंयबाब वाचपघर आनी संशोधन केंद्राक कोलकोताच्या राजाराम मोहन रॉय लायब्ररी फावंडेशनाचो 2005 वर्सांचो उत्कृश्ट वाचपघराचो पुरस्कार फावो जाला. ह्या वाचपघरा भायर ल्हान भुरग्यांखातीर राजाराम मोहन रॉय प्रतिशठान पुरस्कृत 'बालांगण' हे वेगळें वाचपघर आसा. वेगवेगळ्या भासांतली ह्या वाचपघरांत बालसाहित्याची तीन हजारावयर पुस्तकां उपलब्द आसात.

कोंकणीच्या मळार जे लोक वावुरतात तांची मंडळ सदांच नोंद घेता. ताका उर्बा मेळची ह्या उददेशान वेगवेगळे पुरस्कार मंडळ वर्साक दिता. हातूंत शिक्षणीक पुरस्कार, साहित्य पुरस्कार, पत्रकारिता पुरस्कार, सेवा पुरस्कार हांचो आस्पाव जाता. हे पुरस्कार मंडळाच्या वर्सुकी दीसा, 30 सप्टेंबराक जैतिवंताक भेटयतात.

**- नित्यानंद नायक**

**कोंकणी भाशा मंडळ, महाराष्ट्र :** महाराष्ट्र राज्यांतली कोंकणीचो वावर करपी आद्य आनी म्हालगडी संस्था. हिची स्थापना 5 एप्रील 1942 दिसा मुंबय जाली. आदल्या काळांत गोंय आनी कर्नाटकांतले खुपशे कोंकणी मनीस शिक्षण वेवसाय नोकरे निमतान, मुंबय स्थायीक जाल्ले. ह्या कोंकणी लोकांक भाशीक, सांस्कृतीक तशें सामाजीक व्यासपीठ दिवच्या उद्देशान कोंकणी भाशा मंडळ - महाराष्ट्र ही संस्था घडोवपाचो विचार जालो. तेपयलीं अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची कारवार हांगा 1939 त स्थापना जाल्ली. तिचें तिसरें अधिवेशन मुंबय घेवपाचें थरिल्लें. परिशदेची स्वताची अशी आयोजन वेवस्था नासली. तिची अधिवेशनां थळाव्या संस्थांवतीन आयोजीत जातालीं. परिशदेचें मुंबयचे तिसरें अधिवेशन आयोजीत करपाचे गरजेंतल्यान कोंकणी भाशा मंडळ - महाराष्ट्र ही संस्था स्थापन जाली.

मुंबयत स्थायीक जाल्ल्या कोंकणी मनशांच्या पालवान हे संस्थेन, आयजमेरेन थळाव्यो तशो राश्ट्रीय पांवड्यावयल्यो कोंकणी कार्यावळी आयोजीत केल्यात. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची सात अधिवेशनां (1942, 1949, 1952, 1957, 1967, 1980, 1997) हे संस्थेन मुंबयत आयोजीत केल्यात. परिशदेच्या अधिवेशनाच्या आयोजनांत आनी हेर वावरांत हे संस्थेक जायत्या म्हालगड्यांचो सहभाग लाबला. तांचेंमदीं कोंकणी भास आनी साहित्याचे आधुनीक जनक वामन रघुनाथ वर्देवालावलकार (शणै गोंयबाब), प्रो. अर्मांद मिनेझीस, डॉ. एच. ओ. मास्कारेन्हस, डॉ. एम. यू. मास्कारेन्हस, बा. भ. बोरकार (बाकीबाब), डॉ. मारियान सालदान्य, रामचंद्र नारायण नायक, डॉ. सुमित्रा मंगेश कत्रे, एफ्. जे. मार्तिरीस, साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त, जे. बी. मोरायस, जे. बी. सिक्वेरा आनी हेर आसात.

कुणबी उत्सव, कोंकणी दायज जात्रा, कोंकणी मान्यताय दीस, प्रज्ञा - सोद, साहित्यीक कार्यशाळा, परिसंवाद, नाटकां, लोकवेद-दर्शन अशो कोंकणीच्यो साबार कार्यावळी ही संस्था नेमान आयोजीत करता.

**- सं. मं.**

**कोंकणी भाषा मंडळ, कर्नाटक :** कर्नाटक राज्यांतली आद्य कोंकणी संस्था. हिची स्थापना 1 जानेवारी 1974 दिसा मंगळुरा जाली. कोंकणीचो वावर करपी अशी एक संस्था घडोवची ह्या उददेशान, 21 मे 1973 दिसा, मंगळुरच्या मिलार स्कुलांत, कोंकणी मोग्यांनी एक बसका घेतली. हे बसकेंत फिलीप नज्रेत, मार्क वाल्टर, चा. फ्रा. द कोस्त, ऑस्टीन डिसोजा प्रभू आनी हेर मानेस्तांनी वांटो घेवन हे संस्थेचे स्थापनेचो विचार केलो.

ह्या मंडळाचो पयलो अध्यक्ष म्हणून कोंकणींतलो नावाजतो कवी आनी नाटककार चा. फ्रा.द कोस्त उपाध्यक्ष बी. व्हि. बाळिगा, कार्यदर्शी ऑस्टीन डिसोजा प्रभू आनी, खजिनदार म्हणून मार्क वाल्टर आसलो. पयल्या कार्यकारी मंडळाचेर विलियम डिसिल्वा, आंतोन

जुवांव सोज, अल्बन कास्तेलिन, सिरिल वेगस, जे. बी. रस्कीन, गाब्रीयल सोज, व्ही. जे. पी. साल्डाना, लियो सोज. एस. एल. लोबो, वेरोनिका, ए. सी. आनी शालेट हे वांगडी आसले.

मंडळाच्या कल्पक जाळवणदारांच्या मार्गदर्शनाखाला, मंडळान 1974 सांवन कोंकणी भास, साहित्य आनी कला अशा विविध मळांचेर साबार कार्यावळी घडोवन हाडल्या. कविता, कथा, एकांकी आनी निबंध सर्ती (1974). 26 जानेवारी 1975 दिसा मंडळाचो पयलो वर्सुकी उत्सव 'कोंकणी दीस' म्हणून व्हड दबाज्यान मनयलो. त्याच वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत 'लेखक संमेलन' घडोवन थंय हेर कार्यावळीवांगडा लेखकांचो भोवमान आनी पुस्तक प्रकाशन केलें.

मंडळाचे यजमानेकेखाला, 1976 त मंगळुरा, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें अिकरावें अधिवेशन व्हड उमेदीन आयोजीत जालें. तशेच 1984 त बेंगळुरा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदच्या पंदराव्या आनी 1988 त मणिपालांत जाल्ल्या परिशदेच्या अठराव्या अधिवेशनाच्या आयोजनांत मंडळाचो सक्रीय सहभाग उरला.

मंडळाच्या फुडारपणाखाला कर्नाटकांत सरकारी पांवड्यार कोंकणी अकादेमी निर्माण करपाच्या वावराक व्हड चालना मेळली. तेखातीर मंडळान कर्नाटकांतल्या वेगवेगळ्या प्रदेशांनी जागृताय हाडपाक अखिल कर्नाटक कोंकणी साहित्य संमेलनां घडोवन हाडलीं. फुडलें पावल म्हणून 'कोंकणी जाथा' घडयल श्रीमती ब्रिट्टो ही संचालिका आनी बस्ती वामन शैणे हो कार्यदर्शी, संघटना समिती संचालक एरीक ओझेरियो आनी खजिनदार कुडुपी शेणै आसलो. तशेंच एक कोंकणी अकादमी निर्माण समितीय घडयली. हे समितिचो एन्. विश्वनाथ कुडव अध्यक्ष आनी सिल्वेस्टर डिसोजा आनी व्हि. जे. पी. सालडान वांगडी आसले. हे समितीन वेगवेगळ्या प्रदेशांनी लोकांमदीं जागृताय हाडली आनी कर्नाटकाचो राज्यपाल, मुखेलमंत्री आनी संबंधीत सरकारी अधिकाऱ्यांकडेन सतत संपर्क सादून आनी फाव तेन्रा संघर्श करून आपली मागणी फुडें व्हेली. हाचो परिणाम म्हणून 2 फेब्रुवारी 1993 त, तेन्राचे कर्नाटकाचे मुखेलमंत्री, वीरप्प मोईली हाणे विधानसभेंत, कोंकणी अकादमी स्थापन करतलों म्हणपाचें उतर दिलें.

1995 त जाल्ले पयलें विश्व कोंकणी संमेलन, जाणें आख्ख्या कोंकणी संसारांत नामना जोडली, तें संमेलन घडोवन हाडपांत कोंकणी भाशा मंडळ - कर्नाटक हे संस्थेचें तोखणायेचें योगदान आसा. ह्या संमेलनाचें फळीत म्हणजे संसारभर शिंपडिल्ल्या कोंकणी समाजाक ह्या संमेलनांत एकठांय हाडून कोंकणीचें विश्वदर्शन घडयलें. ह्याच संमेलनाची परिणिती म्हणून आयज मंगळुरा विश्व कोंकणी केंद्र ही व्हड अभिमानाची संस्था उबी रावल्या.

मंडळान जायते वर्सुकी उपक्रम हातांत घेतल्या. ह्या उपक्रमांवरवीं कोंकणी लेखक, कलाकार हांकां प्रोत्साहन दिवन कोंकणी भाशेची उदरगत सादपाचो वावर मंडळ करता. कोंकणी शिक्षक आनी विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन करून कर्नाटकांत कोंकणी शिक्षणाच्या कार्याक हातभार लायता. मंडळान पुस्तक प्रकाशनांचो वावरय हातांत घेतला.

कोंकणी भाशा मंडळाचे आतांमेरेनचे अध्यक्ष

1) चा. फ्रा. द. कोस्ता 1974
2) लियो डिसोजा
3) व्ही. जे. पी. साल्दान्य 1975
4) मार्क वाल्टर 1977
5) के. के. पै 1978
6) दामोदर प्रभू 1979
7) डी. व्ही. वासुदेव प्रभू 1983
8) दामोदर प्रभू 1984
9) पॉल मोरास 1989
10) बस्ती वामन शणै 1993
11) एडवर्ड नाझारेथ 1995

12) जॉन. एल्. डिसोजा 1998

13) फा. एरिक कास्ट्रो 2004

हाचे भायर, मंडळाच्या वावराक व्हड प्रमाणांत हातभार लावपी एडवीन डिसोजा, बेनेट पिंटो, रघुनाथ शेट, के. जी. नायक, विश्वनाथ कुडवा, हांचेय नोंद घेवपासारकें योगदान आसा.

**- डॉ. गीता शेणै**

**कोंकणी भास : पळयात → भास (कोंकणी)**

**कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिश्ठान, मंगळूर :** कर्नाटकांतली, मंगळुरची एक नांवाजती कोंकणी संस्था. धर्म, जात, पंथ, प्रांत ह्यो मर्यादा हुपून, संवसारांतल्या कोंकणी मनशां कडेन संवाद सादून, तांचें मदीं एकचार, आपलेपण आनी कोंकणी बद्दल निश्टा निर्माण करपाची हे संस्थेन मोख दवरल्या. भाशे वरवीं भावपण हें ह्या संस्थेचें ध्येय वाक्य आसा.

हे संस्थेन पयलें वयलें विश्व कोंकणी संमेलन, 1995 त मंगळूर व्हडा दबाजान घडोवन हाडलें. ह्या शारांत कोंकणी संमेलनांत, भारत आनी भारता भायल्या देशांतल्या लोकांक पयलेच फावट एकठांय येवपाची आनी कोंकणीच्या संदर्भांत विचार मंथन करपाची संद मेळिल्ली. ह्या संमेलनांन वेगवेगळ्या प्रदेशांतल्या कोंकणी मनशांचें सामाजीक, सांस्कृतीक आनी भावनीक दर्शन घडयल्लें.

ह्या विश्व कोंकणी संमेलनाचें एक फलीत म्हणजे ह्या संमेलनांत, मंगळुरांत विश्व कोंकणी केंद्र स्थापन करचें असो थाराव जालो. ह्या थारावा प्रमाण विश्व कोंकणी केंद्राच्या मांडावळिचो वावर श्री. बस्ती वामन शेणै हाच्या फुडारपणाखाला आनी हेर वांगड्यांच्या सहकारान, मुखार वचून विश्व कोकणी केंद्राची भव्य वास्तू मंगळुराच्या शक्तिनगरांत उबी रावली. तिचें रितसर उक्तावण, गोंयचे मुखेल मंत्री दिगंबर कामत हाच्या हातान 17 जानेवारी 2009 दिसा जालें. ह्या केंद्राचें डॉ. पी. दयानंद पै आनी पी. सतीश पै विश्व कोंकणी केंद्र अशें नामकरण केलां. ह्या पै भावांनी ह्या केंद्राचे उबारणे खातीर 1 कोटी रुपयाचें सुरवेचें दान दिलां.

कॅनरा बँकेन श्री. अमेम्बल सुब्बाराव पै ह्या तिच्या संस्थापकाच्या नांवान प्रशासकीय ब्लॉकाचो खर्च दान म्हणून दिला. श्री. एम. जगन्नाथ शेणै (म्हैसूर) हाणें आपलो बापूय एम. गोविंद राव हाचें यादस्तीक म्हणून, मिनी कन्वेशन थेटर दान केलां. सौझा भाव (पुत्तूर) हांणी आपलो बापूय अँथनी आनी आवय मेरी हांच्या नांवान सेमिनार हॉल दान केला. श्री. टी. व्ही. मोहनदास पै हाणे 52 लोकांक रावपाचें आधुनीक सुख-सोयी आशिल्लें, गेस्ट हावस बांदून संस्थेक अर्पण केलां.



विश्व कोंकणी केंद्र - कार्यालय

संवसारीक मळार कोंकणी भास, साहित्य, कला, संस्कृती आनी कोंकणी मनीस हांची सर्वांगी उदरगत सादपी, राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पांवड्या वयली संस्था ह्या नात्यान, विश्व कोंकणी केंद्रान सकयल दिल्ल्यो कार्यावळी हातांत

घेतल्या :

**1) विश्व कोंकणी भाशा संस्थान (संशोधन आनी शिक्षण)** : हो विभाग श्री. रोनाल्ड कुलासो (बंगळुरू) ह्या अनिवासी भारतीयान, आपलो बापूय फेबियान आनी आवय ऍलीस हांचे यादस्तीक म्हणून, दिल्ल्या दानांतल्या सुरू जालो. ह्या विभागांतल्यान कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृती, शिक्षण, समाज अशा सावार कोंकणी संबंधीत विशयांचेर संशोधन आनी अभ्यास करपाक शिश्यवृत्ती दितात.

**2) सारस्वत बँक शिश्यवृत्ती येवजण** : ही येवजण चालू लावपाक सारस्वत बँक कडल्यान फंड मेळ्ळा. आनी कोंकणी संबंधी विश्यवृत्ती दिवपाची येवजण चालीक लायल्या.

**3) विश्व कोंकणी वस्तू संग्रहालय** : मंगळुरचे कॉर्पोरेशन बँकेन. बँकेचो संस्थापक, खान बहादूर हाच्या नांवान दान दिल्ले रकमेंतल्यान सुरू केल्ल्या ह्या संग्रहालयांत कोंकणी समाजाच्यो वेगवेगळ्यो मळा वयल्यां, आदी वापरांत आशिल्ल्या वस्तुंचो संग्रह हांगा केला. ह्यो वस्तू आतां वापरांत नाशिल्ल्यान, तांचो हांगा केल्लो सांबाळ हो कोंकणीच्या दायजाचो सांबाळ आसा.

**4) विश्व कोंकणी वाचनालय** : श्री. एस. एम. राव, श्री. यू. एम. किणी आनी श्री. राम किणी हांणी तांची आवय श्रीमती सुमित्रा माधव राव (म्हैसूर) हिच्या नांवान दिल्ल्या दानांत सुरू केल्ल्या वाचनालयांत कोंकणी भाशेंत बरयिल्लीं आनी कोंकणी संबंधी बरयिल्लीं हेर भाशेंतलीं सगळीं पुस्तकां हांगा वाचकां खातीर उपलब्ध करपाचो विचार आसा. आतां मेरेन उपलब्ध आशिल्लीं अशीं पुस्तकां वाचकां खातीर दवरल्यात. पुस्तकां वांगडाच कॅसेटी, सी. डी., फिल्मां आनी हेर माध्यमां वरवीं म्हायती उपलब्ध करून दिवप जातली.



एक सभाघर

**5) किर्ती सभाघर** : श्री. विठ्ठल किणी आनी रूक्मिणी किणी (अंदर) हांचे यादस्तीक म्हण तांची नात धन्या रामदास किणी (मुनियाल) हिणें दान केल्ले रकमेंतल्यान सुरू केल्ल्या ह्या सभाघरांत, कोंकणी भास, साहित्य, कला, शिक्षण, उद्योग, प्रशासन आनी हेर मळांचेर तोखणायेची कीर्त जोडिल्ल्या कोंकणी म्हान व्यक्तींचे फोटू ह्या सभाघरांत लायल्या. ह्या म्हान कोंकणी मनशांची देख घेवंन हेरांनीय वेगवेगळ्यां मळांचेर जैतिवंत वावर करचो अशी अपेक्षा दवरल्या.

**6) विश्व कोंकणी साहित्य अकादमी**

**7) विश्व कोंकणी संगीत आनी नृत्य अकादमी**

**8) विश्व कोंकणी नाटक अकादमी**

**9) विश्व कोंकणी लोकवेद अकादमी**

वयर दिल्ल्यो चारय अकादमी साहित्य, संगीत, नाच, नाटक आनी लोकवेद ह्या मळाचेर काम करतात. साहित्य अकादमीवतीन आतां मेरेन आठ प्रकाशनां प्रसिद्द जाल्यांत आनी, कांय कोंकणी पुस्तकांचो इंग्लीश, हिंदी,

आनी कन्नड भाशेंत अणकार केला. बाल साहित्याची 28 पुस्तकां कोंकणी इंग्लीश अशा दोनूय भासांनी प्रसिद्द केल्यां.

वयल्या चारय अकादमीच्या वतीन भोवभाशीक साहित्यीक, सांस्कृतीक परिसंवाद आयोजीत करतात. तशेंच कोंकणी नाटकाचे तशे कोंकणी संगिताचे, नाचाचे वेगवेगळ्या राज्यांनी सादरीकरण करतात.

**10) कन्नड - कोंकणी रत्नकोश :** हो कन्नड आनी कोंकणी भाशेंतलो आनी देवनागरी आनी कन्नड लिपयेंतलो कोश आसा. श्री. एम. माधव पै हाणें संपादीत केल्लो कोश 732 पानांचो आसा.

**11) श्रीमती विमला व्ही. पै साहित्य पुरस्कार :** एक लाख रुपयाचो वर्सुकी पुरस्कार श्री. टी. व्ही. मोहनदास पै हाणें आपल्या आवयच्या नांवान दवरला. राष्ट्रीय पुरस्काराचो दर्जोआशिल्लो हो पुरस्कार, दर वर्सा, कोंकणींत प्रकाशीत जाल्ल्या आनी निवड समितीन वेंचिल्ल्या कोंकणीतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या पुस्तकाक दितात.

**12) कोंकणी शिक्षण विभाग :** ह्या विभागा खाला शाळांनी कोंकणी हो विशय अभ्यासक्रमांत आस्पावपाचे नदरेन, कोंकणी शिक्षकांक, कोंकणी विशयाचे प्रशिक्षण दिवप, शिक्षणीक साधनां निर्माण करप, कोंकणी विद्यार्थ्यांक कोंकणी विशय घेवपाक प्रोत्साहन दिवप हो वावर चलता. एक प्रयोग कसो, दक्षिण कर्नाटक जिल्ल्यांत धा कोंकणी शिक्षकांची नेमणूक करून, शाळांनी कोंकणी विशय शिकोवपाची सोय केल्या. तशेंच कर्नाटक राज्यांतल्या शिक्षण पदविके अंतर्गत कोंकणी विशय शिकोपाची पद्दत आनी अभ्यासक्रम हे संबंधी येवजण चालीक लायल्या.

**13) विश्व कोंकणी विद्यार्थी शिश्यवृत्ती फंड :** ह्या फंडा अंतर्गत अर्थीक नदरेन मागाशिल्ल्या कोंकणी विद्यार्थ्यांक उच्च शिक्षण घेवंक आर्थीक पालव दिता. 2010 वर्सा 160 विद्यार्थ्यांक 50 लाख रुपयांच्यो विश्यवृत्त्यो दिल्यो. 2011 वर्सा, 1000 विद्यार्थ्यांक 2 कोटी रुपयांचो आदार शिश्यवृत्त्यांच्या रुपान दिलो.

**14) क्षमता केंद्र :** ह्या केंद्राचे वतीन कोंकणी विद्यार्थ्यांक नोकरी आनी वेवसायांत परिपुर्णताय येवपाक गरजेचें अशें प्रशिक्षण दितात. ह्या प्रशिक्षणांत आधुनीक अशा तांत्रीक आनी प्रशासकीय वेवहाराचें तांकां गिन्यान दिवन तांची कार्यक्षमता वाडयता. तशेंच तांच्या व्यक्तिमत्वाक उबारी हाडटा.



**वसतीघर**

**15) विश्व कोंकणी अभियान :** ''भाशेवरवीं भावपण'' हो विचार मुखार व्हरपाक विश्व कोंकणी केंद्रान, विश्व कोंकणी अभियान सुरू केलां. ह्या अभियानाअंतर्गत कोंकणी आनी हेर भाशांतले लेखक, कलाकार, विचारवंत एकठांय येवन आंतर भारतीय पांवड्यार विचारांची देव-घेव करतात. अशे तरेची भोवभाशीक वेंचीक संमेलनां अभियानान कोंकणी प्रदेशांनी आयोजीत केल्यां. ह्या अभियाना वरवीं, कोंकणी भाशेची इश्टागत हेर भारतीय भासां कडेन करून एक आंतर-भारती नातें निर्माण करपाची मोख दवरल्या.

विश्व कोंकणी केंद्राचो संस्थापक चेअरमॅन मणिपालच्या पै उद्योगसमुहाचो श्री. के. के. पै आसलो. श्री. के. के. पै हाच्या मरणा उपरांत, बंगळुरचो उद्येजक डॉ. पी. दयानंद पै हाची चेअरमॅन म्हणून निवड जाली. श्री. बस्ती वामन शेणै संस्थापक अध्यक्ष आसात. श्री. आर. व्ही. देशपांडे हो गौरव चेअरमॅन आसा.

**- सं. मं.**

**16) विश्व कोंकणी परिचय कोश :** कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृती, कला, शिक्षण, संगीत, नाटक, सिनेमा, उद्येग, प्रशासन, भुगोल, इतिहास अशा कोंकणी प्रदेश आनी कोंकणी लोकां संबंदीची साबार म्हायती आनी गिन्यान ह्या कोशांत आसपावता.

डॉ. तानाजी हळर्णकार हाणें संपादीत केल्ल्या ह्या तीन खंडी कोशाचे दोन खंड प्रकाशीत जाल्यात. उरिल्लो एक खंड प्रकाशनाचे वाटेर आसा.

**17) कोंकणी सांस्कृतीक शब्दकोश :** कोंकणी सांस्कृतीक संदर्भ आशिल्ल्या ह्या शब्दकोशांत प्रादेशीक बोली, कोंकणीची सांस्कृतीक उतरावळ आसतली.

**18) विश्व कोंकणी बाल नाटक अभियान :** ह्या अभियानाच्या वतीन कोंकणी बाल लोकनाट्याचे सादरीकरण वेगवेगळ्या प्रदेशांनी करून कोंकणी भुरग्यां मदीं कोंकणी लोकवेदाची वळख करपाचो आनी कोंकणी भुरग्यांमदीं कोंकणीची ओड निर्माण करपाचो वावर चलता.

**- सं.**

**कोंकणी लोकवेदःपळयात → लोकवेद कोंकणी**

**कोंकणी संगीत : पळयात → संगीत कोंकणी**

**कोंकणी शिक्षण : पळयात → शिक्षण कोंकणी**

**कोंकणी संस्कृती मंडळ, सदाशिवगड (कारवार) :** सदाशिवगड आनी कारवार वाठारांत, कोंकणीचो वावर करपी एक सक्रीय संस्था. कोंकणी लोकवेदाचें जतन, संवर्धन, प्रदर्शन आनी सादरीकरण हें ध्येय नदरेमुखार दवरून कार्यरत आशिल्ले हे संस्थेचो जल्म, बस्ती वामन शणै हाचे प्रेरणेन आनी डॉ. शिवराम कामत हांच्या मार्गदर्शनाखाला जालो.

हे संस्थेन आयजमेरेन कोंकणी लोकवेदा संबंधी जायत्यो कार्यावळी आयोजीत करून ह्या वाठारांतल्या कोंकणी लोक कलाकारांक मुखार हाडपाक प्रेरणा आनी मार्गदर्शन केलां.

कर्नाटक, महाराष्ट्र, गोंय अशा साबार प्रदेशांनी कारवार वाठारांतल्या लोकवेदाचें सादरीकरण केलां. आकाशवाणी कारवार, आकाशवाणी धारवाड, दूरदर्शन बेंगळूर, युवा आंतरराष्ट्रीय सप्तक आनी करवळी उत्सव अशा साबार माध्यमांतल्यान लोककलाकारांक सादरिकरणाची संद प्राप्त करून दिल्या. लोकवेदावांगडाच सामाजीक, शिक्षणीक, भाशीक कार्यावळी आयोजीत करून जनजागरणाचें काम केलां. ह्या सगळ्या वावराखातीर संस्थेक जायत्या बऱ्या मागप्यांचो हातभार मेळला. तातूंत मंजुळा गोसावी, दीपक गांवकार, नारायण नाईक, कृष्णानंद राणे, शिवा गोसावी, वसंत बांदेकर, संदेश बांदकर, प्रकाश वेर्णेकर,

दिनेश गडकर, उषा राणे, प्रेमानंद गडकर हांचें योगदान चड मेळ्ळां

- सं.मं.

**कोंकणी साहित्य : पळयात → साहित्य कोंकणी**

**कोंकणी सिनेमा : पळयात → सिनेमा कोंकणी**

**कोंगो :** कवचधारी शंख वर्गांतलो जीव. हो जीव घट्ट अशा शंखाकृती कवचांत जियेता. ह्या शंखाकृती कवचाक शंखाच्या तोंडा कडेन एक पातळ धांपणे कशें शिपयेची पाती आसता. तिच्या पोंदा कोंग्याचें तोंड आसता आनी हेर आंग शंखाच्या तिरपल्ल्या (Spiral) पोकळेंत उरता. हो जीव गरज तेन्ना धापणें उक्तें करून तोंड भायर काडून, आपलें खाण घेता वा आपली राबित्याची सुवात बदलता.



कोंगो चडसो दर्यांतड, न्हंय-देगेवयले चिखली सुवातेर, तसो शेतांनी मेळटा. कांय प्रकारचे कोंगे रानांनी आनी हेर चिखली सुवातींनय आसता. कोंग्याच्या मांसाची शाकोती करून खाता. कोंग्याच्याच कुळांतलो व्हड आकाराचो आनी सोबीत असो आनीक एक प्रकार आसा. ह्या प्रकारांतल्या कोंग्याच्या कवचाक 'शंख' म्हणटात. ह्या शंखांत फूक मारली तर तार स्वरांतलो नाद भायर सरता. देवळांनी आरती वेळार शंख वाजोवपाची रीत आसा. महाभारतांत, झुजामळार, झुजारी वा ताचो सारथी शंख नाद करून, आपल्या आगमनाची सुचोवणी दितालो. कृष्ण, विष्णू, ब्रह्मदेव सारखिल्या देवांच्या हातांत हेर आयुदांवांगडा शंख आसता.

- सं. मं.

**कोंडो :** (मराठी- बांबू, संस्कृत - वंश, वेणू, कन्नड - बिदिरु, हिंदी - बंस, गुजराती- ...., लॅटीन - बांबुसा, इंग्लीश - बांबू).

एक भोव उपेगी तण वनस्पत. वनस्पतशास्त्रांत हे वनस्पतीक 'राक्षसी तण' अशे म्हणटात. कोंडो सादारण धा ते पंदरा मीटर उंचायेन वाडटा. कोंडो बेगीन वाडटा. दर दिसाक सुमार 7-8 सें मी. उंचायेर वाडटात. पूण ही बेगोबेग वाड सुमार एक म्हयनोमेरनूच जाता. खंयचेयकडेन एक कोंडो रोयत जाल्यार उपरांत थंय कोंड्यांचो एक चोमोच (आळ) तयार जाता. एका चोम्यांत 30-100 कोंडे आसूंक शकतात. कोंड्याची पानां लांबट, अशीर, खरखरीत आनी बारीक देंठांचीं आसतात. ताच्या कांडाक मदीं मदीं पेरां आसतात. सादारण तिशेक वर्सांनी कोंड्याक आनी आठ वर्सांनी कणकीक फुलां फुलतात आनी बारीक फळां लागतात. हीं फळां पळोवपाक गंवासारकीं दिसतात. ताका 'वंशयव' म्हण्टात. हे प्रक्रियेक 'कांटो येयलो' अशें





कोंड्याची आयदनां करताना

म्हणटात. भरिल्लो आनी पोकळ अशो कोंड्याचो मुखेलपणान दोन जाती आसात. कोंड्याच्यो सुमार 550 जाती आसात. तातुंतल्यो सुमार 136 जाती भारतांत सांपडटात. कांय जाती तणांइतल्यो बारीक आसतात. कांय जाती 120 फूट मेरेन उंचायेर वाडटात आनी जाडयेन एक फूट घेराच्यो लेगीत आसतात.

कोंड्याचें खाशेलपण म्हळ्यार ताची बेगीन जावपी वाड. हेर खंयचेय वनस्पतीपरस कोंडो बेगीन वाडटा. बारिकसाणेन नियाळल्यार कांय प्रकारच्या कोंड्याची ही वाड दोळ्यांक लेगीत दिसूंक शकता.

जायगँटोक्लोआ, ग्वादुआ, बांबुसा, फिलोस्टॅकिस, अॅरुंडिनॅरिया, डेंड्रोकॅलॅमस, ऑक्सिटेनँथेरा, मेलोकॅना ह्यो संवसारांतल्यो कोंड्याच्यो मुखेल अशो आठ जाती.

कोंकणांत मेळपी कोंड्याचे कांय म्हत्वाचे प्रकार अशे आसात -

1) हुडेल - ह्या प्रकारचे कोंडे आकारान बारीक आसतात. ते चड उंच वाडनात. हे कोंडे पोकळ आसतात आनी तांचो चडसो उपेग वंयो बांदपाखातीर जाता.

2) कोंडे (बांबू) - ह्या कोंड्याक बरीच मागणी आसा. तांची लागवडूय व्हड प्रमाणांत जाता. हे कोंडे भरीव आशिल्ल्यान तांचो उपेग पांटले, सुपां आनी हेर हस्तकलेच्यो वस्ती करपाखातीर जाता. आदल्या काळांत गांवठी नळे (पनेळाचे नळे) घराच्या पांख्यार बसयतांना, तांच्या पोंदा कोंड्याच्यो कांबी (अर्दो) दाळटाले.

3) शिरी - हे कोंडे रानांनी वाडटात. तांकां कांटे आसतात, जाका लागून ते वंयो करूंक वापरतात.

4) वेळू - हे कोंडे आंगान मोटे आनी उंच वाडटात. हांचो उपेग कागद तयार करपाखातीर जाता.

कोंडे सपाट जमनीर जशे जातात, तशेंच दोंगरांनी 3,000 हजार फूट उंचायेचेरूय जावंक शकतात. कोंड्याची लागवड फुटव्यांतल्यान वा बियांतल्यान करतात. ह्या पिकाची लागवड सादारपणान पावस पडल्याउपरांत करतात. ताची खास अशी जतनाय घेवची पडना. 6-8 सप्तकांभितर कोंड्याची पुराय वाड जाता, जाल्यार 3-5 वर्सांनी ते जून जावन कापपाखातीर तयार जातात.

कोंड्याच्या चडशा जातिंचे मूळ भारत, ब्रह्मदेश, चीन, मलाया ह्या देशांनी आसा. कोंकणांत कोंड्याची खास अशी लागवड केल्ली ना. पूण हेर पिकांवांगडा काजुच्या रानांनी, भाटांनी, कुळागारांनी आनी दोंगरांनीय जाता. गोंयांत गांवगिऱ्या वाठारांनी, पोरसांनी तशेंन रान खात्याच्या बागांनीय कोंडे रोयिल्ले दिसतात.

संवसारांत कोंड्यांच्यो कितल्योशोच जाती आसात. पूण कोंकणांत ह्यो सगळ्यो जाती पळोवंक मेळना.

आमकां ज्यो उपेगी पडटात त्यो म्हळ्यार सादे कोंडे आनी वेळू. कारण ह्या दोन प्रकारांचो आमचे जिणेंत आमी खुबूच वापर करतात. आदल्या काळांत आमचे जाणटेले कोंड्यांच्या कामटाचो वापर करून खोपी बांदताले. ह्या खोपिंचीं दारां म्हळ्यार कवड्यो वा कवडां, तींय कोंड्याच्याच कामटांची आसतालीं. मातयेचे पारे, वण्टी



कोंड्यापसून तयार केल्ल्यो वस्तू

वा चिऱ्यांच्यो वण्टी आयले उपरांतय वयर कोंड्यांच्या कामटांनी कंडवन आनी तांचेंवयल्यान चुडटांनी (पाखें) घर शिवताले. घराभोंवतणाच्या पोरसाची बंय कोंड्यांचीच आसताली. आयचेवरीं चिऱ्यांचीं आनी शिमिटान बांदिल्लीं दुर्गां त्या काळार नासतालीं. अजुनूय गांवांनीं पोरसांच्यो वंयो कोंड्यांच्योच केल्ल्यो दिसतात.

कांय शाक भाज्जेचे प्रकार हे वाल-वनस्पतीचे प्रकार आसात. तवशिणीं, घोसाळणी, तेंडलिणीं ह्यो भाज्ज्यो वाल वनस्पतीक लागता. तांचे बरे लागवडी खातीर तांकां माटोव लागता. हो माटोव कोंड्या बडयांचो करता. लग्नां कारणांखातीर आनी व्हडल्या व्हडल्या सभा समारंभांखातीर माडयांच्यो व्हडल्यो म्हेडी पुरून, वयल्यान कोंड्यांची पाखीं करून ती मागीर चुडटां मल्लांनी धांपून माटोव घालतात. शेतकामती लोक, तशेंच फुलकार झाडांच्यो खांद्यो, ताळ्यो बागोवपाक वा कांय फळां-फुलां काडपाक तेंकडेचो वापर करतात, ती तेकडी कोंड्यांचे बडी आसता. आंबे काडपाच्या कोंबल्याकय कोंडोच वापरतात आनी ताच्या वयल्या तोंकाक कोबल्याची जाळी बसयतात. नुस्तें गरोवपी लोक गरी करपाखातीर कोंडचाची शितारी (कोंड्याची बारीक बडी) वापरता. व्हडेंकार आपले व्हडें तडीक उण्या उदकांत आसता तेन्ना, तें खोल उदकांत व्हरपाखातीर, सुरवेक तावजाचो (कोंड्याचो) उपेग करतात. खोल उदकांत व्हडें पावलें तशें मागीर व्हले घेवन व्हलयतात (ताणटात). तेचप्रमाण उंचायेवयलो कोयर काडपाच्या झाडूची मूठ म्हणून कोंडयाचो वापर करता. वयर चडपाखातीर वापरता ती निसण आनी मेल्ल्या मनशाची कूड मसुंडेंत व्हरपाक करता ती निसण (तिरडी) कोंड्या बडयांची करता. दाणयेर कपडे सुकत घालपाखातीर कोंड्याचीच बडी (अनवाळी बडी) वापरतात. गोड, मधूर संगीत वाजोवपा खातीर, कोंड्याच्यो तरेतरेच्यो वाजवपाच्या मुरल्यो (वाद्यां) करतात. आदल्या काळांत तेफळांच्यो गुळयो मारपाच्यो फटाशो (गांवठी पिस्तुलाचें खेळणे)

कोंड्यापासून करताले.

आदल्या काळासांवन कोंड्याचो वापर करून बऱ्यांतलो बरो कलात्मक वापर करून, तरेतरेच्यो संसारापयोगी वस्तू करून विकपाचो धंदो कोंकणांत चलता ह्यो वस्तू करपा खातीर पयलीं, कोंडे घेवन सात-आठ दीस, उदकांत फुगत घालतात. तांचे जाय तशे कुडके करून तांची वेळां (कापटा) काडटा आनी हीं वेळां घेवन जाय तसल्यो वस्तू ते लोक हातांनी तयार करतात. देखीक : न्हिदपाचे, धान्य सुकोवपाचे, हातरपाट, सामान दवरपाच्यो दालयो, खांडवीं, पांटले, खोटले, वर्जी, वल्ले, वल्ल्यो, सांगशो, पेटारे, धान्य आसुडपाची सुपां, वारो घेवपाचे आयणे, सानुल्लीं अशो जायत्यो वस्तू ते लोक हातांनी तयार करतात. हालीं तेंपाक प्लास्टिकाच्यो तरेतरेच्यो अशो वस्तू मेळूंक लागिल्ल्यान, कोंड्या वेळांपसून तयार केल्ल्या ह्या वस्तुंचें म्हत्व उणें जायत गेलां आमलें तरी गांवांनी कुळवड्यांच्या घरांनी तांचो आजय वापर जाल्लो दिसता. पूण आतां कोंड्यापासून तयार केल्ल्यो सोबेच्यो वस्ती (देखीक : फ्लावर पॉट, लँपशेड, शो-केसी) पर्यटनाच्या वेवमायाक लागून तयार जाता आनी तांकां पर्यटकाकडल्यान मागणी आसता.

कोंड्याचो वापर आमी खावपाक लेगीत करतात. वेळू म्हणून जो मोट्टो कोंडो आसता, ताका मुळांपसून कोंब येतात. ह्या कोंबांक 'किल्ल' म्हणटात. कोंकणांत ह्या किल्ल्याचें लोणचें, भाजी आदी अशे जायते जिनस करतात.

वेळूच्या पेरांतलो रोस काडून वखदांय तयार करतात. कोंड्याचीं पानां, मुळां, वंशयव तशेंच वंशलोचन हांचे मदीं हे वखदी गुणधर्म आसून साबार दुयेंसांवेळार तांचो उपेग जाता. भूक उणावप, अपचन जावप अशा पोटाच्या कागाळी वेळार कोंड्याचीं तन्रीं पानां आनी सारिवा (Hemidesmus), चंदन (Sandal wood) ह्या सारक्या मुवासीक वनस्पती बरोबर उदकांत उकडून ताचो काडो करून पोटांत घेतात. ओंकारो, पातळ परसाकडेन जायत वा परत - परत तान लागत, तशेंच खोंकली येत, धांप लागत वा क्षय ह्यासारक्या फुफ्फुसाच्या दुयेंसांवेळार वंशलोचन, खडेसाखरी वांगडा दिवचें. तातूंत फुफ्फुसांक बळ मेळटा. वंशलोचन काळजाची क्रिया सुदारता. हाकालागून कांय काळजाच्या दुयेंसांवेळार ताचो उपेग जाता. बायलांक म्हयन्याची पाळी सारकी येना वा अजिबात भायर जायना तर कोंड्याच्या पानांचो काडो पोटांत घेतात. 'वंशयव' मेद धातूचेर कार्य करता. हाकालागून 'गोड्यामुताच्या' दुयेंसांत वंशयव शिजोवन खाल्यार वयल्या दुयेंसांक बऱ्याक पडटा. कातिच्या विकारांत कातिचो रंग इबाडल्यार कोंड्याचें मूळ बारीक वांटून तो लेप त्या भागार लायतात. सूज आयिल्या भागार तरन्या पानांचो लेप लायल्यार सूज देंवपाक मदत जाता. हे वखदी उपाय करचे पयलीं जाणकाराचो सल्लो घेवचो.

**सांस्कृतीक संदर्भ :** बंगालच्या वाठारांत मकर संक्रांती दिसा कोंड्याची वास्तुदेवता म्हण पुजा करता. आसाम आनी छोटा नागपूर ह्या वाठारांतले आदीवासी कोंड्याक देव मानता. कांय समाजामदीं लग्नाच्या दिसा न्हवरो व्हंकल कोंड्याक प्रदक्षणा घालता. उत्तर भारतांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांनी कांय कडेन देवळामुखार कोंडो पुरून दवरिल्लो आसता. ताचेर देवाची वसती उरता असो समज आसा. कांय आदिवासी जमातींत, शिमेवयलो राखणदार कसो कोंडो पुरून ताची दर वर्सा पुजा करता. गोंयच्या फोंडे तालुक्यांत बांदोडे गांवांत, श्रीनागेश देवाचे जात्रे आदले रातीं, गावणे हांगच्या पुर्वचारी ह्या पालवी देवाचो भार योवपी मनीस, हातांत कोंड्याचें मूळ धरून पुर्वचारी देवळासांवन नागेश देवाचे भेटीक वता. तेन्ना त्या कोंड्याचे हेर भाग हेर लोक उबारून घेवन भारावांगडा चलता. ह्या भाराक तोंक्याभार म्हणटा आनी पुर्वचारी देवळाकडले जात्रेक तोंक्या जात्रा म्हणटात.

आधुनीक काळांत जरी कोंड्यापासून केल्लीं आयदणां आनी हेर वस्तू वावरप जायना, तरी सांस्कृतीक परंपरा म्हणून आजय हिंदू धर्मांत लग्नावेळार कोंडयाच्या वेळांपासून तयार केल्ले आरावणे, वल्ल्यो, सुपां,

आयणें, सौंदर्य प्रसादन डबी सारखिल्यो वस्ती वापरतात. तेखातीर ह्यो वस्ती तयार करपी म्हार समाजाकडसून त्यो विक्त्यो घेता. तांकां 'म्हारवत' म्हणटात.

**पुरक नोंद : 1) अनवाळ्या बडी, 2) किल्ल, 3) निसण, 4) फटास.**

**- सं. मं.**

**कोंफरो :** सान्नां उकडपाचें आयदन. आदीं तें मातयेचें आसलें. उपरांत तें तांब्या धातुचें वापरांत आयलें. घांटिच्या आकाराचें हें आयदन एके वटेन घांटिसारकें उक्तें आनी रूंद, तर दुसरेवटेन घांटिसारकें बंद आनी अशीर. हें आयदन हाताळपाक सोपें जावंचें म्हणून बंद आशिल्लेवटेन हातांत धरून उखलपाक वा दवरपाक एक मूठ (हँडल) आसता. सान्नां उकडपाच्या कामांत कोफऱ्याचो वापर धांपण्यासारको करता.

एके मडकेंत उदक घालून ते चुलीर दवरता. मडकेच्या तोंडार सानुल्लीं म्हणजे कोंड्या-वेळापासून तयार केल्लें विक्सळीत वेळांचे सपाट आकाराचे पाटुले (ल्हान पाटले) दवरतात. मडकेंतल्या उदकाची वाफ सानुल्यांमदसून वच्ची म्हण सानुल्यांच्या वेळांमदीं फावशी मेकळी सुवात दवरता. ह्या सानुल्ल्यांनी पातळ वस्त्राचो कुडको दवरून ताचेर सान्नांचें पीठ पसरता. मडकेच्या तोंडार एकार एक सानुल्लें दवरून तांकां कोंफऱ्यान धांपून घेता.वस्त्राच्या कुडक्याचो पातळसाण अशी आसची की तातुंतल्यान उदकाची वाफ पासार जावची, पूण सान्नाचें पीठ पासार जावचें न्हय.

मडकेंतल्या उदकाची वाफ सानुल्ल्यांचेर आशिल्ल्या कोंफऱ्यांत भरता आनी हे वाफेवरवीं सानुल्ल्यांतलें सान्नांचें पीठ शिजता. थारावीक काळान कोंफरो काडून सानुल्ल्यांतलीं सान्नां काडून घेवन, पर्थून तीं पिठान भरता. पर्थून तांचेर कोंफरो धांपता. अशेतरेन ही प्रक्रया सगळीं सान्नां जायमेरेन चलता. हेच पद्दतीन हीट हो खाद्य पदार्थय करता.

उदकाची वाफ, वाफेचेर धांपण आनी धांपण्यांतले वाफेच्या दाबान अन्न शिजोवप हें मुळावें तत्त्व आधुनीक प्रेशर कुकरांनीय वापरलां. हेंच तत्त्व आदल्या तेंपार अस्तित्त्वांत आशिल्ल्या कोंफऱ्याच्या उपेगा फाटल्यान दिसता. जे आधुनीक पद्दतीन आमच्या काळांतली इडली वा हीट हो पदार्थ प्रेशर कुकरच्या आदारा करतात, तेच पद्दतीन आदल्या काळांत सान्नां, हीट आनी तत्सम खाद्य पदार्थ कोंफऱ्याच्या आदारन करताले.

**पुरक नोंदी : सान्नां, हीट, इडली**

**- सं. मं.**

**कोंब्याक उदक घाल :** हो एक प्रातिनिधीक स्वरूपाचो गांवगिऱ्या लोकवेदाचें दर्शन घडोवपी खेळ आसा.

1) साहित्य - ह्या खेळाक कसलेंच साहित्य लागना.

2) खेळाचो प्रकार - सांघिकपणान खेळपाचो हो खेळ. हो खेळ चड करून पावसाच्या दिसांनी खेळटात. सकाळ सांजेवेळार खेळटात.

3) नेम आनी अटी - हो खेळ बसून खेळटात. कमीत कमी दोग जाण आनी चडांत चड कितलेय खेळगडे हो खेळ खेळटात.

4) खेळपाची पद्त / रीत - खेळपी जितले खेळगडी आसात ते सगळे वांटकुळे लागीं बसतात. दर एकलो स्वताचे हात सामकार, जमनीर बोटां पसरावन ओमथे दवरता.

सगल्यांनी बोटां पसरावन, हात जमनीर दवरून जातकीर कोणय एकलो स्वताचो एक हात जमनिवेलो काडून, प्रत्येक गड्यांचीं हातांचीं बोटां मेजता. बोटां मेजतना 1, 2, 3 अशे आंकडे मेजिना. त्या बदला - आदू, गोदू, फिरंगी, च्यारी, गणा अशें म्हणून मेजता. ज्या बोटार निमाणे उतर 'गणा' येता तो गडी हात तसोच दवरून फकत तेंच बोट दोडून धरता. उपरांत मुखार परत

तेच पद्दतीन मेजता आनी एक, एक बोट दोडून धरीत रावतात.

तो गडी सगल्यांच्या बोटां बरोबर स्वताचींय बोटां मेजता. एका हाताचीं जातकीर दुसरो हात जमनीर दवरून तीं मेजता. हे तरेन प्रत्येक गड्यांचीं सगलीं बोटां दोडून जातकीर तो हात काडटा. सगल्यांचे हात काडून जातकीर जाच्या हाताचें बोट निमाणें उरता तो कोंब्याक उदक घालता. दर एकाच्या कोंब्याक तो उदक घालता. एकल्याचें चुकतकीर दुसऱ्या कोंब्याक उदक घालता.

कोंबो म्हळ्यार डाव्या हाताची मूठ करून किरंगळिच्या बोटावटेन जमनीर उबी धरता आनी आंगठो उबो करता. जो बेबो जाता (जाचें बोट मेजपाचें निमाणें उरता) तो दोनय हात एकामेकांक समांतर पांयां पडिल्यासारखे मेटून कोंब्याच्या वयर आडवे धारेन धरता आनी एकेक हात फाटी-फुडें करता. म्हळ्यार उदक घालता.

कोंबो केल्लो गडी उदक घालता त्या हातांचेर थापट मारता. थापट मारतना चुकूंक जायना. मारिल्लें थापट चुकतकीर ताचो डाव वता. मागीर दुसरो गडी कोंबो करता आनी बेबो उदक घालता. हे तरेन खेळ चलत उरता. सगळे बाद जातकीर जाय जाल्यार परत आदलेच पद्धतीन सुरू करतात.

फायदो - खेळपी खेळगड्यांची हुशारी दाखोवपी हो खेळ. दोनय गडी तितलेच हुशार आसतात. हुशारे बरोबर चपळताय आसची पडटा.

जतनाय - ह्या खेळांत थापटां मारपाचीं आशिल्ल्यान तीं जतनायेन आनी हलक्या हातान मारचीं आसता. कांय तिरसुवाद भुरगे थापटां मोट्यान मारून, उदक घालता ताचे हात दुखयता. खेळांत अशी मस्ती येतकीर खेळाची मजाच वता

- एन. सुहास

**कोंबी : पळयात → कुकड**

**कोंबो : पळयात → कुकड**

**कोंब्या झूज :** (कोळिअंक) - दक्षीण कन्नड प्रदेशांत कोंब्यांक झुजोवपाचो खेळ जनप्रीय आसा. आनी तो खूप आदीं सांवन परंपरेन चलत आयिल्ल्यान ताका जनपदाचें रूप प्राप्त जालां. तुळुभाशेंत ह्या खेळाक 'कोरिदकट्टा' म्हणटात. तुळुभाशेंत कोरी वा कोळी म्हणजे कुंकड. ताचेवयल्यान हांगा ह्या खेळाक 'कोळी अंक' अशेंय म्हणटात. हो एक मनरिजवणिचो खेळ आसा.

हेर मोनजातींच्या खेळाप्रमाण कोंब्या झूज हो खेळ भारत आनी भारताभायर ग्रीक, रोम अशा देशांनीय खेळटाले. सद्याक अशा खेळांची लोकांक आवड उणी जाल्या म्हणून, आनी सरकारान तांचेर कायद्यान बंदी घाल्या म्हणून अशे खेळ आतां सर्रासपणान जायनात. गांवगिऱ्या वाठारांनी अशे खेळ आजय जातात. मनरिजवण आनी धार्मीक उत्सव हांचो लागिच्यो संबंध उरिल्ल्यान, अशे खेळ भोवतेक करून देवळांच्या उत्सवाक धरून जाता. दक्षीण कन्नड वाठारांत हे कोंब्या झुजां खेळ भुताचे कोल, कंबळ वा अशा देवळांच्या गुत्तू घराचे लोक हो खेळ खेळटात.

झुजाच्या कोंब्याची निवड तांच्या पिरायेच्या चार म्हयन्यांचेर करता. ताका घरांतल्या घरांत दवरून, बरे बळगें प्राप्त जावंचें म्हणून खाशेले अन्न दिता. ल्हानपणासांवन ताका झगडपाचें शिक्षणूय दिता. झुजा दिसा कोंब्याचो धनी, कोंब्याक, खांदार बसोवन झुजा मळार हाडटा. येताना तो हातांत बाळू (हत्यार) दोरी, सूप, सूत आनी कोंब्या-खाण घेवंन येता. ताचे वांगडा, ताच्या गांवांतलेय जायते लोक झुजांतल्या कोंब्याक उर्बा दिवंक येतात.

हें झूज उक्त्या सुक्या शेतांत वा मैदानाचेर जाता. खेळा-मळार पांच धरून पंदरा लेगीत कोंबे झुजाक रावतात. अर्ध्यां कोंब्यांक झाडाच्या कांडाक एकेवटेन दोरयेन बांदतात, आनी उरिल्ल्यां अर्ध्या कोंब्याक तांच्या



सामकार, पूण दुसऱ्या झाडाच्या कांडाक दोरयेन बांदतात. म्हणजे एकेवटेनच्या कोंब्यांक फुडो करून दुसरेवटेनचे कोंबे उरता. दोरी एकाच पांयाक बांदिल्ली उरिल्ल्यान, झगडपाखातीर तांकां मेकळीक उरता. कोंब्याच्या पांयांक दुधारी, दोन इंच लांबायेचें बाळू (हत्यार) बांदता. मैदानाच्या मध्यकाक हें झूज चलता आनी पळोवपी लोक सभोवतणी कोंडाळें करून बसता.

पायांक हत्यार बांदिल्ले कोंबे उडून, एकमेकाचेर झुडून वतात. पायानी एकमेकांक मस्तिता. अशे करताना आपले चोंचीन तशें पांयाक बांदिल्ल्या बाळून प्रतीस्पर्धीचेर हल्लो करता. हें झूज चार फेरयांचे आसता. चार फेरयां उप्रांत झुजाचो निकाल लागता. मदीं खंयचोय कोंबो जखमी जालो तर ताचे घाय धुंवन सूय - दोऱ्यान शिंवून, ताका पर्थून झगडूंक सोडटा. कोंबो जमनीर पडलो, मेलो वा पळून गेलो तर तो हारता आनी ताचो प्रतस्पर्धी कोंबो जिंखता. ह्या निर्णयाक 'ओंते - बंते' म्हणटात. ओंते म्हटल्यार हारिल्लो कोंबो. बंते म्हटल्यार विजयी कोंबो. ह्या झुजांतल्या कोंब्याचेर बक्षिसाच्या पयशांची बोली लायता. जाचो कोंबो जिंखता ताका ते पयशे मेळटा. दोनय कोंबे पळून गेल्यार वा मेल्यार निर्णय अनिर्णयीत जाल्ल्यान पयशांची देव घेव जायना. फकत मेल्ल्या कोंब्याची अदला बदल करतात.

- डॉ. गीता शणै

**पुरक नोंद : धिरयो**

**कोगूळ (कोकीळ कुगुळी) :** पक्षीवर्गातल्या क्युक्युलिडी कुळांतलो हो पक्षी आसून ताचें शास्त्रीय नांव यूडिनॅमिस स्कोलोपेशियस अशें आसा. भारतांतल्या सगळ्या वाठारांत कोगूळ आसता. हिमालयांत तो तितलो दिसना पूण ताच्या मुळसांत दिसता. दाट अशा जंगलांनी, पोरसांनी, गच्च भरिल्ल्या पानांच्या झाडांनी कोगूळ दिसता. दादलो कोगूळ कुऽऽऊ कुऽऽऊ असो आवाज करता, तर बायल कोगूळ कीक - कीक असो आवाज करता.

कोगूळ कावळ्यापरस बारीक आसून ताची शेपटी लांब आसता. (नर) कोगूळ तिकतिकीत काळ्या रंगाची आसून मादी कोगूळ पुडी रंगाची (तपकिरी) आसता. तिची पाखां, शेपटी, छाती आनी पोट हांचेर धवे पट्टे आनी आंगाचेर धवे तिबे आसतात. ताचे दोळे किरमिजी रंगाचे आसून चोंच मळकट पाचव्या रंगाची आसता. तशेंच तांचे पांय काळसर कशे आसतात.

कोगूळ वडाची, पिपळाची आनी असल्याच प्रकारच्या हेर झाडांची फळां खावन आपले पोट भरता तशेंच जीव, किडे, गोगलगायो बी खाता.

पावसाच्या येवकाराक तर कोगूळ कुऽऽऊ, कुऽऽ ऊ असो आवाज करीत आसता. श्रावण म्हयनो ताचें हें



येवकाराचे गाणें आयकुपाक मेळटा आनी शिंयाच्या दिसांनी कोगूळ मौन पाळटा. मादी कोगूळ किक् किक् किक् अशे सूर काडटा.

कोगूळ हो सगळ्यांचो एक आवडतो पक्षी. ताच्या पाचस्वरी गायनांत रडपांत जी एक प्रकारची कारुण्यता आसता. तिचेर जायत्या कविंनी काव्यां बरयल्यात. तशेंच लावणीकारान शृंगारीक लावण्यो रचल्यात आनी कितल्याशाच संगितकारांनी संगीत रचलां. सादारणपणान एप्रीलपसून ऑगस्टमेरेन कोगूळ तांतयां घालता. कोगूळ आपले घोंटेर केन्नाच बांदिना. कोगूळ आपली तांतयां चडशीं कावळ्याच्या वा म्हार कावळ्याच्या घोंटेरांत दवरता. तांतयां घालपा वेळार कोगूळ कावळ्याच्या घोंटेराकडेन वचून, लिपून बसता आनी कावळो नासो पळोवन कावळ्याच्या घोंटेरांत आपलीं तांतयां घालता.

कोगुळेचीं तांतयां कावळ्याच्या तांतयांपरस मात्शीं ल्हान आसता. तांचो रंग करडो पांचवो वा पाटयेच्या (स्लेट) रंगासारखो निळो-काळसो आसून तांचेर तांबूस तपकिरी तिबे आसतात. कावळो कावळिणीकडसून तातयां उबोवन जातकीर जेन्नां पिलां भायर सरता तेन्ना कोगूळ आपल्यां पिलांक घेवंन दुसरेकडेन वता.

- **सं. मं.**

**कोची :** भारताच्या केरळ राज्यांतलें एक मुखेल बंदर-शार. केरळच्या एर्नाकुलम जिल्ल्याचें ठाणें. कोचीन हें शार मदुराईचे अस्तंतेक 200 कि. मी. आनी त्रिवेंद्रमचे उत्तर - वायव्येक 186 कि. मी. अंतराचेर आसा. वेलिंग्टन जुव्यांवेल्या लोहमार्गापुलान तें 3. कि. मी. चेर आशिल्ल्या एर्नाकुलम शाराक जोडलां. कोचीन हें दक्षीण रेल्वेचें निमाणें स्थानक.

उत्तरेकडच्या वायपीन जुंव्याक तेंकून आशिल्लो रेवेंचो बांद फोडून 1962 वर्सा कोचीन बंदर व्हडल्या दर्यांतल्यान व्हड्यांखातीर उक्तें जालें. केरळ आनी अस्तंत तमिळनाडूचे नाल्ल, काथ्याचे राजू, शेंदऱ्यो, खोबरें, रबर, च्या, गंजनाचें तेल, मिरयां, सूंठ हांची निर्यात हांगासांवन जाता. आर्विल्ल्या बंदरांची सगळी वेवस्था कोचीनांत आसा. नुस्त्याचें उत्पादन मोरी तेल प्रक्रिया, प्लायवूड, सैनिकी कापड, बार्ज दुरूस्ती, बार्जीक लागपी तेल आनी कोळसो पावोवप, हॉटेलां चलोवप हे वेवसाय हांगा वाडत आसात.

हांगा विमानतळ आनी नाविक शिक्षण केंद्र आसा. 1972 वर्सा सांवन बार्ज बांदपाचो कारखानो सुरू जालो. कोचीनांत आशिल्लें मत्तानचेरी हें इ. 388 सावन पोरने यहुदी वसणुकेचें केंद्र जावन आसा. एर्नाकुलम ही पोरन्या



**कोची बंदरावयले पर्यटन व्हडें**



कोची शार

कोचीन संस्थानाची राजधानी आशिल्ली. हांगा चडशे हिंदू आनी किरिस्तांव आसले तरी यहुदी, मुसलमान आनी शीखूय रावतात. हांगा व्हडले समांतर रस्ते, महाराजा आनी आर्च बिशपचे व्हडले प्रासाद, कॅथॅड्रल, केरळचें उंचलें न्यायालय, दरबार हॉल, टाऊन हॉल, राजेंद्र मैदान, सुभाष बोस, टिळक आनी ॲनी बेझंट उद्यान, बोटीचो धको अशो जायत्यो ओडलायण्यो सुवाती आसात. शाबू, अत्तरां, खावपाचीं तेलां, ग्लिसरीन, नळे, नाल्ल, नुस्तीं हांचेर आदारिल्ले उद्येग, केरोसीन प्रक्रिया आनी बंद डबे, लाकडाच्यो गिरणी, खनीज तेलाची शुद्धी आनी व्हडीं बांदप हे उद्येग व्हड प्रमाणांत चलतात. मसालो आनी काजू हांच्यो संशोधन संस्था, नौसेना - वायुसेना हांचे संरक्षक तळ आनी शिक्षणीक संस्था, महाविद्यालयां आसात.

14 व्या शेंकड्यासांवन नामनेक पाविल्ल्या कोचीनचो उल्लेख जोदर्नस, इब्न बतूता, चिनी आनी फारशी भोंवडेकारांच्या भोंवडेवर्णनांनी मेळटा. 1500 वर्सा काब्राल हो पोर्तुगेज खलाशी हांगा येवन गेलो. 1502 वर्सा, आफोंस - द - आल्बुकेर्कान हांगा भारतांतलो पयलो किल्लो बांदलो. वास्को-द-गामाचें हांगा थडें आसा. 1530 वर्सा सांत शाव्हियरान आपलें कार्य हांगाच्यान सुरू केलें. 1577 वर्सा जेजुइतांनी देशी लिपयेंतलें पयलें पुस्तक हांगा छापलें. 1535 त ब्रिटीश हांगा आयले, पूण 1663 वर्सा डचांनी तांकां धांवडायले. डचांचे आमदानींत कोचीनचो वेपार वाडलो. आयज लेगीत कोचीन शारांत तेन्नाच्या डच पद्धतिचीं घरां पळोवंक मेळटात. 1776 वर्सा कोचीन हैदर अलीच्या शेकातळा आशिल्लें. 1795 वर्सा टिपूकडल्यान ब्रिटिशांनी तें परत आपल्या ताब्यांत घेतलें आनी थंयची तटबंदी मोडून उडयली. 1814 वर्सा डचांनी तें कायद्यान ब्रिटिशांक दिलें. 1936 वर्सा हिंदुस्थान सरकारान बंदराची वेवस्था आपणाकडेन घेतली आनी कोचीन हें

देशाचें मुखेल बंदर म्हूण जाहीर केलें.

कोचीनचो डच गवर्नर व्हान रीड हाणें बरोवंक लायिल्ल्या 'ओर्तूस इंदीकुस मालाबारिकुस' (Hortus Indicus Malabaricus) ह्या ग्रंथांतलें आपु भट, विनायक पंडित आनी रंग भट ह्या कोंकणी वैजांनी बरयल्लें प्रमाणपत्र देवनागरी कोंकणींत आसा.

कोचीनांत कोंकणी लोकांचे तिरुमल देवस्वाम हें धर्मसंस्थान आसा. कोचीनचो राजा आनी डच हांचेमदीं 1663 वर्सा जाल्ले कबलातींत राजान आपल्या कोंकणी प्रजाजनांक राखण दितां, म्हूण उतर दिल्लें. कांय धर्मीक कारणांक लागून कांय लोक आपल्या देव-देवतांच्यो मूर्ती घेवन 1294 वर्सा कोचीच्या राजाच्या मुलखांत पावलें. राजाकडल्यान जमनी आनी राखणेचें उतर घेवन ते 'कोंकणस्थ महाजनम' ह्या नांवान कोचीनांत स्थायीक जाले.

कोचीन वाठारांत भोवसंख्येन कोंकणी मनीस रावतात. हे लोक चवदाव्या शेंकड्यांत वेपाराखातीर आनी सोळाव्या शेकड्यांत पोर्तुगेजांच्या धर्मछळाखातीर गोंयांसावन कोचीन गेले. थंय ह्या लोकांच्यो बऱ्योच संस्कृतीक, शिक्षणीक आनी सामाजीक संस्था वावर करतात. 'कोंकणी भाशा प्रचार सभा' आनी 'केरळ कोंकणी अकादमी' अशो दोन संस्था थंय कोंकणीच्या मळार वावर करतात. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेची दोन अधिवेशनां (1978 आनी 1986) आनी एक साहित्य संमेलन (1996) कोचीन शारांत जाल्यात. 2013 त हांगा सरकारी कोंकणी साहित्य अकादमीची स्थापना जाल्या.

**- सं. मं.**

**कोजागिरी पौर्णिमा :** आश्विनी पुनवेक हें नांव आशिल्ल्यान ह्या दिसा पाळिल्ल्या व्रताक 'कोजागरव्रत' अशें म्हणटात. ह्या दिसा दिसभर उपास करून, रातचे वेळार लक्ष्मी आनी ऐरावतारूढ इंद्र हांची पूजा करतात. उपास, पूजन आनी जागरण ह्या तिनूय आंगांक ह्या व्रताक सारकेंच म्हत्व आसा. हे रातीक देवळांनी, घरां - घरांनी, उद्यानांनी, रस्त्यांचेर आदी सुवातिंनी दिवे, पणट्यो पेटोवन सरभोंवतणचो वाठार लकलकीत करतात. हे रातीक जितले दिवे, पणट्यो पेटयतात तितलो कल्प मनशाक सूर्य-लोकांत प्रतिश्टा मेळटा अशें शास्त्र सांगता.

हे दिसा रातच्या वेळार लक्ष्मी आनी इंद्र हांच्या प्रतिमेची (फोट्याची) पुजा करतात आनी तांकां फुलां ओंपीत हे श्लोक म्हणटात :

**नमस्ते सर्वदेवतानां वरदाऽसि हरिप्रिये।**
**या गतिस्त्वत्प्रपन्नानां सा मे भूयात् त्वदर्चनात्॥**

अर्थ - हे हरिप्रिये लक्ष्मी, तुमी सगळ्या देवांक वर दिवपी तुमका नमस्कार. तुमचे शरणाक येवप्यांक जी गती लाबता,ती तुमच्या पुजेन म्हाका प्राप्त जावं.

**विचित्रैरावतस्थाय भास्वत्कुलिशपाणये।**
**पौलोम्यालिङ्गिताङ्गाय सहस्त्राक्षाय ते नमः॥**

अर्थ - चित्रविचित्र ऐरावतावयर बशिल्ल्या, तेजस्वी वज्र हाती धारण करपी अशा सहस्त्राक्ष इंद्राक नमस्कार.

पुजा जाल्या उपरांत फोव आनी नाल्लाचें उदक देवाक दाखयतकच, हो प्रसाद म्हूण सगळीं घरचीं खातात. उपरांत चंद्राक आटीव दूद नैवेद्य म्हूण दाखयतात. हे राती घरचीं वेगवेगळे खेळ खेळटात. रातभर घरचीं जागृत उरपाखातीर हो खेळ खेळटात अशेंय कारण आसूं येता. हे राती लक्ष्मी 'को जागर्ति' (कोण जागो आसा?) अशें विचारत घरांघरांनी भोंवता आनी जो जागो आसा ताका धनधान्य दिवन समृद्ध करता अशी कथा पुराणांत वाचूंक मेळटा. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर इंद्र - लक्ष्मीची पुजा करून ब्राह्मणभोजन घालतात.

घर निवळ करप, रस्ते झाडप, दिसाचो उपास करप, रातच्या वेळार चंद्राची पुजा करून ताका दूद आनी खीर हाचो नैवेद्य दाखोवप अशे वेगळे रितीन केल्ल्या व्रताची कथा ब्रह्मपुराणांत वाचपाक मेळटा. आदल्या काळार ह्याच दिसा 'कौमुदी महोत्सव' म्हूण मनयताले. 'कौमुदी पौर्णिमा' आनी 'शरत्पौर्णिमा' अशा नांवांनी ह्या दिसाक

वळखतात. पावसाळ्या उपरांत प्रसन्न अशा शरद ऋतुंतली ही पुनव आशिल्ल्यान तिका एक उत्सवाचें म्हत्व आयलां आसूं येता.

**- सं. मं.**

**कोझीकोड (कोषिक्कोड) :** केरळ राज्याचो एक जिल्लो.

कोझीकोडि जिल्ल्याचे उत्तरेक कन्नूर जिल्लो, दक्षिणेक मलप्पुरम जिल्लो, पुर्वेक वेयनाड तर पश्चिमेक अरबी समुद्र आसा. ताचें क्षेत्रफळ 30.61 चौरस कि. मी. आसा. आदल्या मलबार जिल्ल्याचे विभाजन करून ह्या जिल्ल्याची स्थापना 1 जानेवारी 1957 त जाल्ली. लोकसंख्या 28,78,498 (2001) आसा. केरळ राज्यांतलें एक म्हत्वाचें बंदर आशिल्ल्या कोझीकोडाक इतिहासीक नदरेनय तितकेंच म्हत्त्व प्राप्त जाता. मलबारच्या बळिश्ट झामोरीन राज्याची राजधानी आनी वास्को द गामा ह्या पुर्तुगीज दर्यावर्दीन 1498 त लायिल्ल्या भारताच्या दर्या मार्गाच्या सोदांतलें भारतीय जमनी वयलें पयलें ठिकाण म्हणून कोझीकोडाचे उत्तरेक 16 कि. मिटराचेर आशिल्ल्या काप्पाड नांवाचे दर्यादिगेवयले सुवातेक इतिहासीक म्हत्त्व प्राप्त जाला.

कोझीकोड केरळांतलें एक प्रमूख बंदर; पोरण्याकाळा सांवन हांगाच्यान, विदेशांत वेपार जातालो. अरबी आनी चीनी हातूंत प्रमूख आशिल्ले. अरबी ह्या प्रदेशाक 'कालिकुट' म्हण वळखतात. चीनी 'कालिफो' म्हण सांगतात. इंग्लीश जनांक हें 'कालिकट' तर कोंकणी हांका 'कल्कुट' म्हण जाणतात. मल्ल्याळम उतर, कोषिक्कोड आसा. हाचो इंग्लीश अणकार Cock Fort आनी इंग्लीश जनां ह्या प्रदेशाक ह्या नांवान बी वळखतात. के. वी. कृष्णन अय्यर नांवाचो इतिहासकार ह्या उतराची व्युत्पत्ती कोयिल (राजवाडो) + कोडु (किल्लो) म्हण सांगता. कोषिक्कोड (कल्कुट) केरळांतलें एक पोरणें बंदर आनी त्या काळाक सांवन तें पर्यटकांक आकर्शणाचें केंद्र जालां. अजूनय ताचें सौंदर्य उणें जावंक ना. हें बंदर केरळाच्या पश्चिमी तटाचेर आसा. ह्या प्रदेशांत अनेक न्हंयो आनी सरोवरां आसात. चालियार पुषा, कल्लायिप्पुषा, पुन्नुर पुषा, इरवन्जिप्पुषा ह्यो मुखेल न्हंयो आसात. ह्या सोबीत प्रदेशांतल्या काप्पाड (16 किलोमीटर उत्तर) नांवाचे वेळे देगेर ई. 1498 वर्सा वास्को - द - गामा पुर्तगालच्या वेपारी समूहाचें नेतृत्व घेवन हांगा पावलो. कोट्टप्परम्बु प्रदेशांत पोरणो राजवाडो आसा. मानाचिरा हें स्थळ राजाचे न्हांवपाचे तळये खातीर प्रसिद्ध जालें.

तेराव्या शेंकड्या सावन मध्य आनी उत्तर केरळांत कोषिक्कोड मुखार आयलें. ह्या प्रदेशाचे शासक सामूतिरी (झामोरीन) म्हण प्रसिद्ध आशिल्ले. ते संस्कृतायेच्या



भारतीय प्रबंध संस्थान

प्रचाराच्या कार्यांत आनी हेर कार्यांतय प्रसिद्द आसले. तेराव्या शेंकड्या पयलीं कोषिक्कोड बंदर नासलें. केरळाच्या राजकारणांत कोषिक्कोडाचें म्हत्व चवदावे शेंकड्या सांवन सुरू जाता. केरळांत निर्यात करपाचे पदार्थ मुखेलपणान मिरीं, आनी एळ, हांगाच्यान विदेशांत निर्यात करताले. वस्त्राचो वेपार तेंगशेर आशिल्लो. विदेशांतले चड करून अरब, चीन देशांतले अनेक वेपारी कोषिक्कोड प्रदेशांत येताले. हांगा ''चीनक्कोट्टा'' म्हण चीनी जनाली वसाहत भोव प्रसिद्ध आसली. कोषिक्कोडांतली निर्यात आनी आयात अरब जनांच्या हातांत आशिल्ली. ह्या जिल्ल्यांत वडकरा, कोयलांडी, कोषिक्कोड, एरनाड, आनी तिरुर आसा. हांगा हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान वसाहत करून आसात. चड करून हिन्दू जन हांगा आसा. विष्णु आनी शिव ही हांगचे प्रमूख दैवतां नागाराधना आनी पितृपूजा बी हांगा चलता. हांगाचे मुस्लीम ''माप्पिळा'' म्हण वळखतात. बेप्पूर कोषिक्कोड सावन 10 किलो मीटर दक्षीण दिशेर आशिल्लें एक बंदर आनी नगर. हो प्रदेश तारवांचे निर्मणे खातीर प्रसिद्ध आसा. आदल्या काळांत वलियङ्ङाडि वेपाराचें एक प्रमूख केंद्र आशिल्लें. आतां मिठायित्तेरुव गरजेचें वेपाराचे केंद्र आसा.

कोषिक्कोड संस्कृतायेचें केंद्र आशिल्लें. 'रेवतिपट्टत्तानम' नांवान दर वर्सा सात दिसांची विद्वान जनांची एक बसका हांगा जाताली. देश विदेशांतले पंडीत ह्या बसकेंत भाग घेताले.

कोषिक्कोड प्रदेशांत तळि म्हण एक गांव आसा. हांगा देवळांत सामूतिरीच्या संरक्षणांत बसका चलताली. इबन बतूता नांवाच्या भोंवडेकारान (1342-1347) कोषिक्कोडाच्या संबंदान अशें सांगलां. ''हें मलबाराचें सर्वप्रमूख बंदर. हांगा लोकांतल्या सगळ्या प्रदेशांतल्या सगळ्या प्रदेशांतले वेपारी पळोवपाक मेळटात. कोषिक्कोड प्रदेश झुजां मळावयले ''कळरिप्पयट्ट'' नांवाचे शिकवणेखातीर प्रसिद्ध. लोकगितांखातीर बी हो प्रदेश प्रसिद्ध आसा. हांगा आयज अनेक विद्यालयां, म्हाविद्यालयां, मेडिकल कॉलेज, प्रशासन शिकोवपाची केंद्रां, विद्यापिठां बी आसात. मल्ल्याळम भाशेचो प्रसिद्द कादंबरीकार, एम. टी. वासुदेवन नायर, कथा बरोवपी, एस. के. पोट्टक्काड आनी तिक्कोडियन, हांगाचे प्रसिद्द लेखक आसात.

पर्यटक केंद्र म्हणून जिल्ल्याचें म्हत्व उल्लेखनीय आसा. कृष्णमेनोन म्युजियम, ललितकला अकादमी, प्लेनोटोरियम, लोकनारकाव देवीचें देवुळ, तुषारगिरी जलप्रपात, पर्यटकाले आवडेचें. काप्पाड वेळेक इतिहासीक म्हत्त्व आसा. पषश्शिराजा म्युजीयम वणटिवयले पोरणे चित्रकलेखातीर प्रसिद्द आसा. हांगची आदल्या काळाचीं कांश्याचीं आयदनां आनी नाणीं हांकां इतिहासीक महत्व आसा. रविवर्मा हांगेली चित्रकला हांगा पळोवपाक मेळटा. तच्चोळी माणिक्कत्त नांवान पोरण्या वडक्कन पाट्टुकळ (उत्तरी लोकगीत) हांचे नायक तच्चोळि ओतेतन हांगेलें जल्मस्थान अतिप्रसिद्ध आसा. कुञ्ञालिमरक्कार (सामूतिरीचो नावीक अधिकारी) हांचें जल्मस्थानय एक पर्यटक केंद्र आसा. कोषिक्कोड वेळ आनी सायन्स प्लानेटोरिमय आनी तिक्कोटी दीपस्तंभ तितकेच म्हत्त्वाचे आसात.

केरळांत जंय बंदर आशिल्लें आनी वेपार चलतालो थंय कोंकणी जनांली वसाहत घडटाली. किषिक्कोड हाका आडवाद ना. हांगा डच जनांचे वांगडा कोंकणी जनांक मुखेल स्थान आशिल्लें. कोंकणी जनालो वेपाराखातीर केल्लो प्रयत्नूच डच जनांच्या विकासाक आनी व्याप्तीक कारण जालो. ई. 1748 वर्सा मलबार मंडळाचो कल्कुटाचो प्रतिनिधि नार्ण पोरोब जालो. कोषिक्कोडाच्या राजकारणांत कोंकणी जनांचो सहभाग आशिल्लो. ''बावन बादा'' म्हण एक मुखेल कोंकणी मंत्री सामूतिरीक राजकारणांत पालव दितालो. 18 व्या शेकड्यांत मुखेल जावन कोषिक्कोडांत दोन गौड सारस्वत कुटुंबां पळोवपाक मेळटात. एक तळि गांवांतलें सर्गमठत्तु किणीचें कुटुंब आनी दुसरें, पुषवक्कम कामत मठांतलें कामत कुटुंब. 19 वें शेकड्यांत मंजुनाथ कामत

नांवाचो गौड सारस्वत ब्राह्मण अनेक भाशांचो पंडीत आनी सरकारालो नोकर आशिल्लो. मिठायित्तेरुव प्रदेशांत गौड सारस्वत ब्राह्मणांची थोडीं कुटुंबां उत्तर कर्नाटकांतल्यान कोषिक्कोड येवन रावलीं.

1900-1930 मेरेन सगळ्या मळांचेर ते मुखार आशिल्ले. दास नायक, नरहरि प्रभु, मुल्कि सर्वोत्तम राय कामत, बोळन्तूर सर्वोत्तम प्रभु, माधव प्रभु, विट्ठळ पै, बैलूर नरसिंह किणी प्रसद्ध जाले. हरि नायक भांगराचो वेपार करतालो. 1940-1950 मेरेन श्री. वेंकटेश नायक (सुकृतीन्द्र कलामंदिराचो स्थापक), आर. यमुना बाय (मॅजिस्ट्रेट), वेंकटेश नारायण शणै, जी. उमानाथ मल्लर, बी. गणपति भट्ट प्रसिद्ध जाले. गौड सारस्वतां वांगडा हांगा सारस्वत आनी दैवज्ञ ब्राह्मण बी आसात.

हांगा कोंकणी जनांची वसाहत 200 वर्सां पोरणी. हांगा भांगराच्यो वस्ती करून विकपाचो उद्योग व्हड प्रमाणांत चलता. पयलें नांव दास नायकाचें. हाची वसाहत दास नायक कोंपाउण्ड म्हण नांवान वळखतात. मंजु कामत आनी तांचे कुटुंबाची वसाहत कम्मत लेन म्हण प्रसिद्ध जाल्या. हाचे भायर अच्युत मल्ल्या आनी तांचो कुटुंबाचो उल्लेख करपा सारको. मंजुनाथ राव कोषिक्कोडाचो पयलो मेयर. यू दत्तात्रेय राव दुसरो राजकारणी. वेंकटेश नायकालें पांडुरंग मंदिर बी हांगा उल्लखनीय आसा. कोंकणी जनांचे कलारंग हांगा विकास घेता. गणपत राव हाणें गणपत स्कुलाची स्थापना केली. तांचो पूत सर्वोत्तम राव मलबार प्रदेशांत गणपत स्कूल मुखार व्हरता. तो मलबार शिक्षण समाजाचो स्थापक बी आसा. सुरेन्द्र राव पोरण्या राजवाड्यांची चित्रां, आयदनां, नाणीं आदि एकठांय करता. हाणें विदेश राज्यांतल्यान पुरावस्तु संग्रहणाची शिकवण घेतल्या.

संयुक्त गौड सारस्वत सभा हांगा 1974 वर्सा सावन कार्य करीत आसा. मंजुनाथ राव पयलो अध्यक्ष. राजगोपाल राव सचीव. जनार्दन नायक, सुरेन्द्र राव, गोपाल मल्लर आदिच्या नेतृत्वांत तिचे कार्य चालू आसा.

हांगा अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचे 24वें अधिवेशन 13-15 फेब्रुवारी 2004 ह्या दिसांनी आयोजीत जालां.

**- डॉ. एल. सुनिता बाय**

**कोट्टायम :** केरळ राज्यांतलो 1949 त स्थापन जाल्लो एक जिल्लो. ह्याच नांवाचें थंय एक शारय आसा. ताचे उत्तरेक एर्नाकुलम जिल्लो, दक्षिणेक अलाप्पुझा आनी पथ नमथित्ता जिल्ले, पुर्वेक इडुक्की जिल्लो आनी पश्चिमेक अरबी समुद्र आसा. ह्या जिल्ल्याचें क्षेत्रफळ 2024 चौरस किलो मीटर आसून लोक संख्या 2,398,285 आसा. हांगा हिंदू, किरिस्तांव आनी मुसलमान धर्मियांचो मुखेलपणान राबितो आसून मल्याळम, हिंदी आनी इंग्लीश भाशेचो वापर जाता. कोट्टायम शाराचे साक्षरतेचें प्रमाण हें भारतांतलें सगळ्यांत व्हडलें प्रमाण आसा. अरुंधती रॉय हिणें बरयल्लें आनी बूकर पुरस्कार प्राप्त जालें. ''गॉड ऑफ स्मॉल थींग'' ह्या पुस्तकाक कोट्टायमच्या एका गांवाची फाटभूंय आसा.

कोट्टयम हें नांव मल्ल्याळमांत 'कोट्ट' म्हणजे किल्लो आनी 'अकम' म्हणजे भितर अशें जाता. हांगा आशिल्ल्या इतिहासीक किल्ल्याच्या (कोट) संदर्भांतल्यान हें नांव पडलां आसूं येता.

कोट्टयम प्रदेशाच्या भुगोलीक परिस्थितीक लागून ह्या प्रदेशाक केरळ राज्यांत वेपार, शिक्षण, पर्यटन, उद्योग, शेती अशा मळांचेर एक खाशेली सुवात प्राप्त जाल्या. हांगच्यो न्हंयो, तळीं, सरोवरां, धार्मीक थळां आनी इतिहासीक बांदावळ हें हांगचें खाशेलें आकर्शण आसा. कोट्टयम प्रदेशांत प्रसिद्ध वैक्कम सत्याग्रह जाल्लो. हांगाच अस्पृश्य जातींक देवळांत प्रवेश दिवपाचे चळवळींत महात्मा गांधी, राजगोपाल चारी, विनोबा भावे सारखिल्या महनीय व्यक्तिंनी वांटो घेतिल्लो. कोट्टायम हें दिसाळें, सप्ताळें, म्हयनाळें अशा नियतकालिकांच्या आनी पुस्तक प्रकाशन वेवसायाचें, केरळ राज्यांतलें, केंद्र आसा. मल्ल्याळम भाशेंतल्या, नामनेच्या नियत

कालिकांचे प्रकाशन हांगच्यान सुरू जाता. मल्याळम् मनोरमा (1065), मातृभूमी, केरळ कौमुदी, केरळ भूषण, दीपिका. मंगळम्, देशाभिमानी, अशीं नांवाजतीं दिसाळीं, म्हयन्याळीं हांगच्यान प्रकाशीत जाता. केरळांतले नामनेचे महात्मा गांधी (एम. जी.) विद्यापीठ हांगा आसा. ह्या विद्यापिठांत कोंकणी भाशेचें एक अधिष्ठासन (चेयर) आसा. ह्या जिल्ल्यांतल्या पर्यटन थळांची नामना खूप आसा. 'पातिरामणल' नांवाचो जुंवो, 'कुमरकम' 'तेक्कडी' आनी 'वेमबनाद तळे' आनी 'वागमण' हीं थळां पर्यटकांक आकर्शीत करतात. पनच्चिक्काडाचें सरस्वती पोन्कुन्नम, चंगनचेरी श्रीकोडीथनम शिवमंदीर, एट्टुमनूर शीव मंदीर, महादेव मंदीर, पुंडलीक पुरम विष्णू मंदीर, थिरून खरा महादेव मंदीर, मन्ननम सिरियन ख्रिशच चर्च, ताषत्तङडी देड हजार वर्सांची मशीद, वाकत्तानम सेंट जॉर्ज, तिरूनक्करा आनी अंबल भगवती क्कडप देवळा, विमलगिरी इगर्ज, गुड शेपर्ड इगर्ज हीं सगळीं धार्मीक थळां तशीं पर्यटन केंद्रांय आसात. तेभायर, बेआय-लंडड्रीफ्टवुड मुजियम, मदुरायच्या मिनाक्षी देवळाची प्रतिकृती आशिल्लो पुंजार राजवाडो हांगचीं खाशेलीं थळां आसात.

देवी एलामकावू आनी तिची भयण देवी कोडुन गाळूर हांचें भेटी निमतान जावपी दोन दिसाचो एलामकावू उत्सव, एट्टुमानूर देवीचो धा दिसांचो वर्सुकी उत्सव, सेंट मेरी चर्च (मनरकड) चें एत्तुनोपु पेरुन्नल फेस्त आनी देवी थिरू नकारा उत्सव हे कोट्टायामचे व्हड दबाजाचे उत्सव आसात.

कोट्टायाम शारांत तावत्तङांडी वाठारांत तळी किल्ल्याचे लागीं, गौड सारस्वत ब्राह्मण (कोंकणी) समाजाचें वेंकटाचलपतीचें देवूळ आसा. तिनशें वर्सां आदीं वराप्पुषा प्रदेशांतल्या एक कुटुंबांतल्या लोकांनीं वेंकटाचलपतीची मूर्त हाडून हांगा पुजली आनी तेन्नाच्या राजान देवूळ बांदपाक सुवात आनी धन दिलें अशी आख्यायिका आसा. ताषत्तङाडी, एट्टुमानूर, आर्प्पुक्करा, चङनाशेरी, कुमारनल्लूर, पत्तनंतिट्टा अशा वाठारांनी कोंकणी मनशांचे राबितो आसा. रबर, च्या, कॉफी आनी भात हीं हांगचीं मुखेल उत्पादनां आसांत.

**- डॉ. एल. सुनीताबाय**
**- डॉ. जयवंत नायक**

**कोठारी, रामोजी सांक शेणवी :** (जल्मः?, मरण :1674)

पोर्तुगेज सरकाराचो परराष्ट्रीय वकील. ताचे पूर्वज पयलीं गोंयांत कुठ्ठाळी गांवांत रावताले. पूण बाटाबाटीच्या वेळार ते कुठ्ठाळी सोडून दिवचल वाठारांत गेले. ताची बुदवंतकाय पळोवन पोर्तुगेज व्हिसरै काँदि द ओबिदुश हाणें ताका सगळ्यो धार्मीक सवलती दिवन गोंय शारांत हाडलो. 1645 वर्सासावन तो पोर्तुगेज सरकाराचो परराष्ट्रीय वकील म्हूण नोकरी करूंक लागलो. डच, विजापूरकर, बेदनूरकर आनी मराठे हांच्या दरबारांत पोर्तुगेजांचो वकील म्हूण रावन पोर्तुगेजांक फायदो जावपासारकी बुदवंतकाय ताणें केली. 1654 वर्सा साश्टी - बारदेसचे घुरये उपरांत विजापूरकर आनी पोर्तुगेज हांचेमदीं जाल्ले कबलातींत कोठारी हाणें वांटो घेतिल्लो. 1661 वर्सा विजापूरचो सरदार रूस्तुम जमान हाचेकडेन वाटाघाटी करपाखातीर तो फोंड्या म्हालांत गेलो. 1667 वर्सा शिवाजीन बारदेस वाठाराचेर घुरी घाली. उपरांत जी कबलात जाली तातूंत वांटो घेवपाक पोर्तुगेजांचे वतीन कोठारी रायगडाक गेल्लो. पोर्तुगेज व्हिसरैन पोर्तुगालाक धाडिल्लें एके चिटयेंत रामोजी कोठारीची खूब तोखणाय केल्या. ताचो चलो रघुनाथ रामोजी शेणवी उपरांत पोर्तुगेज सरकाराचो परराष्ट्रीय मंत्री जालो.

**- सं. मं.**

**कोडफो (वायणें) :** शीत वाळपा खातीर शिताचो बुडकुलो दवरपाचें एक साधन. लाकडाच्या कांबिपासून तयार केल्ल्या ह्या कोडफ्याक चारय वाटांनी चवकटिचो आकार आसून तो

चार खुरांचेर उबो रावता. आधुनीक टी पॉयच्या आकाराच्या ह्या कोडफ्याक टी पॉयक आसता तशीच चवकटिची मांडावळ आसताली. नासताली ती वयली फळी. शीत वाळटना बुडकुल्याक पर्तुपाक ह्या साधनाचो स्टँड कसो वापर करताले. ह्या भायर कोंडफ्याच्या तळाक दवरिल्ल्या आयदनांत बुडकुल्यातली पेज एकठाय जाता.

- **सं.**

**कोडवा - भास :** दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांतल्या कोडागू प्रदेशाची भास. हे भाशेक कोडवा टक्का, कोडुवू, खुर्गी, कोटागू, खुरुग, कुजी, अशीं प्रदेशागणीक हेर नांवां आसात. ही भास मुखेलपणान कोडागू प्रदेशांतल्या कोडवा लोकांची आसली, तरी कोडागू प्रदेशांतल्या हेर जाती-जमातिचे लोकय ही भास उलयतात. ही भास उलोवप्यांचो आंकडो सुमार पांच लाख लोक आसात, आनी ते भोवसंखेन कर्नाटकांत, तर कांय प्रमाणांत तमिळनाडू, महाराष्ट्र आनी हेरकडेन रावतात.

कोडवा भास द्रवीड भास कुळयेंतली आसून तिचो संबंध तसो तिचेर प्रभाव तुळू, कन्नड, तमीळ आनी मल्याळम भासांचो आसा. बेरी आनी बेलचाडा लोकांचे बेरी भाशेंत आनी कोडवा भाशेंत खुपशीं उतरां समान आसात. मुळांत बेरी भास ही तुळू आनी मल्याळम भाशांच्या संयोगन घडल्या. सर्वसादारणपणान तिका कन्नड भाशेचीं बोली मानप जाता.

ध्वनिविचार - स्वर : अ, आ, इ, उ, ए, ॲ, ओ. स्वर ऱ्हस्व, दीर्घ वा अनुनासीक आसतात.

व्यंजनां - क, ग, च, ज, ट, ड, ण, त, द, न, प, ब, भ, य, र, ल, ळ, व, श स.

रूपविचार : नामांत पुलींग, स्त्रीलींग आनी नपुसकलिंगाक अशे भेद आसा. नपुसकलिंगाक स्वतंत्र भोवचन ना. काळानुसार तांकां विभक्ती प्रत्यय लागतात. विभक्ती सात आसात : प्रथमा, द्वितीया, तृतीया, चतुर्थी, षष्ठी, सप्तमी आनी संबोधन.

सर्वनामांत प्रथम पुरुश. नानु - नाड्गा, द्वितीया पुरुश. नीनु - निड्गा, तृतीया पुरुश (पयस) पुरुश. आवों, स्त्रीलींग. आवा, नपुसकलींग. आदु, सगळ्यांचे भोवचन आय्ड्गा वा आवु, (लागीं) इवों, इवा, इदु, भोवचन पुरुश. स्त्रीलींग. इय्ड्गा वा इवु, नपुसकलींग. इदु.

कोडवांतली विशेशणां विकाररहीत आसात. क्रियापदांत धातूंक प्रथम काळवाचक प्रत्यय आनी शेवटाक पुरुश आनी वचन - दर्शक प्रत्यय लागता. आज्ञार्थाचो प्रत्यय एकवचनांत शुन्य आनी भोवचनांत 'रि' वा 'इ' आसा. वर्तमान, भविष्य आनी भूत हे म्हत्वाचे काळ आसात.

कोडवा ही मुखेलपणान कोडवा आनी अम्मा कोडवा लोकांची भास आसली तरी आयरी, मले कुडिया , मेदा कोंबट्टी, कपील, मरिंगी, हेग्गडे, कवडी, कोळ्ळा, थट्टा, कोयावा, गोल्ला अशा हलेरी रजवटींत मलबार प्रदेशांतल्यान कोडागू प्रदेशांत स्थलांतर जाल्ल्या जमातिंचीय ती भास आसा.

कोडवा भाशेची स्वताची लिपी ना. ती कन्नड लिपिचो वापर करता. तिचेखातीर 2005 त, कुर्गी कोक्स नांवाची लिपी तयार केल्ली पूण तिचो जावंक जाय आसलो तितको स्विकार जावंक ना. कांय नाटकां, लोककथा आनी लोकगितां सोडल्यार, हे भाशेंत विशेश साहित्य तयार जावंक ना.

- **गुरूदत्त बाळिगा**

- **सं. मं.**

**कोडुलिंब :** (मराठी- कढिनिंब, संस्कृत - कलासका, हिंदी - करिपत्ता, कन्नड - करिबेवू, गुजराती - कढिनिंबो, इंग्लिश - करी लीफ ट्री, लॅटीन - आझादिराश्ता ईंदिका).

लिंबिणिच्या प्रकारांतलें एक वखदी झाड. हाची पानां, फळां कोडू आशिल्ल्यान ताका हें नांव पडलां. हें झाड 12 ते 18 मी. मेरेन वाडटा. कांडाचो घेर 1.8 ते 2.4 मी. आसता. खोडाची साल काळी आसता. हाची



पानां एक ते दोन इंच लांबायेची आसता. तांचो रंग पाचवो आनी खरवते सारके पानांचे धडेक दांत आसतात. हाची फुलां तोंकाची आसता. तुऱ्यावरीं, धवीं, सुवासीक फुलां फुलतात. लांबगोल अशीं फळांय जातात. हीं फळां पिकल्या उपरांत जांभळट काळीं जातात. हातूंत 2 बियो आसतात. ह्या बियांक नेरोलीसारको वास आनी मिऱ्यांसारकी रूच आसतात. कोडुलिंब दोन तरेचे आसतात. एक ल्हान पानांचो आनी दुसरो व्हड पानांचो. ल्हान पानांच्या जातीक चड वास येता आनी व्हड पानांच्या जातीक कमी वास येता. कांय कोडुलिंबाची पानां तांबड्या रंगाची आसतात. ह्यांय पानांक वास चड बरो येता. कोडुलिंबाचा लागवड बियांसांवन करतात. सुरवातीक झाडा पोंदच्यो बियो एकठांय करतात. त्यो बियो प्लास्टीक पोतयांनी घालून रोंपयो तयार करतात. रोंपयांची उंचाय 4 ते 5 इंच जातकच रोपयांची परतून लागवड करतात. झाडाच्या कांडांक येवपी फांगूर लागवडी खातीर वापरूं येतात. कोडुलिंबाची व्हड प्रमाणांत लागवड करपाची आसल्यार 50 x 50 x 50 सें. मी. आकाराची फोंडकुलां मारून 4 x 4 मी. अंतर दवरून लागवड करतात. ह्या झाडाक 3 ते 5 वर्सांनी फळां लागतात. 15 वर्सां पिरायेच्या झाडासांवन 440 कि. ग्रॅ. बियो आनी 350 कि. ग्रॅ. पानां मेळटात. ह्या झाडाक मावल्यांपासून केन्ना केन्नाय त्रास जावंक शकता. फोमस पेक्टिनॅटस, क्लॉट्ड्स ह्या शेळ्यापसून हो रोग जाता. कॉलर रॉट हो रोग रोपांक जाता. हळद, कापूर आनी हींग प्रत्येक 1 ग्रॅम घेवन 1 लिटर उदकांत घालून ते उदक सकाळी फुडें फवारप. हाचो बरो परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा. ह्या झाडाच्या मुळांक बरें सारें घाल्यार ताची जतनाय बरी घेतल्यार हे झाडाची वाड बरी जाता. कोडुलिंबाचें झाड फातराळ जमनींत बेस बरें जाता जाल्ल्यान शेताचो बांद आनी रस्त्याचे कडेक हीं झाडां रोयिल्लीं दिसतात. कोंकणांत हीं झाडां पोरसांनी रोयिल्लीं दिश्टी पडटा.

कोडुलिंब झाडाचो दरेक भाग खूब उपेगी आसता. विळे आनी कोयतेच्यो मुठी तयार करपा खातीर ह्या झाडाच्या लाकडाचो उपेग करतात. झाडाचो दरेक भाग कोडू आशिल्ल्यान, ताचो घरगुती वखद करपाखातीर चड वापर जाता. कसलीय जखम जाल्यार आनी पुळेर आयल्यार हाची पानां वांटून लायतात. विषारी कीटक चाबलो जाल्यार ह्या झाडाची मुळां आनी साल हांचो लेप करून लायतात. बिकाचो त्रास जाल्यार हाची पानां चाबून खातात. तशींच हाची पानां बरी चाबून खाल्यार तोंडाक एका तरेची रूच येता आनी तोंडाक वास मारना. दातांत आशिल्ले जीव, जंतू मरतात आनी दांत घटमूठ उरतात. झाडाचे बियेंच्या गरांत 'ॲसडिरॅक्टीन' नांवाचे तेल आसता. तें किडनाशकां तयार करपाक वापरतात. ह्या तेलापसून साबणां सारकीं कांय सौंदर्य प्रसादनांय तयार करतात. बियांचे तेल काडून उरिल्ली पेंड सेंद्रीय सारें म्हूण वापरतात. ही पेंड युरिया साऱ्यावांगडा पिकांक दिल्यार 25 ते 30 टक्के साऱ्याची बचत जाता. झाडाचे सालींत 'टॅनीन' नांवाचें तेल आसता. ह्या तेलांसांवन किडनाशकां तयार करतात. हेंय तेल शाब्बाच्या कारखान्यांनी वापरतात. सालींतल्या अर्कासांवन दांत घासपाच्यो पेस्टी तयार करतात. सालींत आशिल्लें टॅनीक ॲसीड चामडें कमावपाक वापरतात. झाडाचें लाकूड विंगडविंगड फर्निचर, शेतवडिचीं अवजारां आनी जळवाखातीर

वापरतात. हालींच कोडुलिंबाच्या जायत्या गुणधर्मांचो सोद लागला. ताकालागून ह्या झाडाचें म्हत्व वाडिल्ल्याचें दिसून येता.

हिंदू धर्मांत, हिंदू पंचांगाप्रमाण नव्या वर्साचो आरंभ संवसार पाडव्याक म्हळ्यार चैत्रप्रतिपदेक सुरू जाता. ह्या दिसा न्हांवन - धुवन कोडुलिंबाची पानां वा पानांचो रोस पिवपाची पद्दत आसा, जाल्यार कांय जाण ह्या पानां वांगडा गॉड आनी आमटाण घालून चटणी करून खातात. पानांपसून केल्लो हो रोस पिल्या उपरांत मागीर गोड - धोड खातात. वर्साची सुरवात कोडू आनी गोड खावन केली म्हणटकच जिवीत परिपूर्ण जावंक पावता असो समज आसा.

ह्या झाडांत रोग आनी पिशाच्च हांची बाधा ना करपाचें बळगें आसा, अशें म्हणटात. हें झाड कापप म्हळ्यार एखाद्रे तरणाटे चलयेची हत्या करपाइतलें अशूभ समजतात. ग्रामदेवतेचे पुजेंत कोडुलिंबाचे ताळयेक खूब महत्त्व आसता. मांत्रिक लोक विंचू, सोरोप हांचें वीख काडपाक हे ताळयेचो उपेग करतात. देवी, कांजीण असल्या रोगांची लागण जाल्यार पिडेस्तांच्या हांथरुणावयर कोडुलिंबाची खांदी बांदतात. वायटकाराक न्हांण घालतना उदकांत कोडुलिंबाचीं पानां घालतात. घर बांदतना एकाद्रया दाराची वा जनेलाची फास्की कोडूलिंबाच्या झाडाची बसयल्यार त्या घरांत कोणाकूच भूतबादा जायना, असो समज आसा. गांवगिऱ्या वाठारांतल्यो बायलो कोडुलिंबाच्यो खांदयो न्हेसून देवीक प्रदक्षिणां घालपाची आंगवण करतात. ब्रह्मचारी आनी योगी कोडुलिंबाचीं पानां खावन रावतात. तशें केल्यान तांचे ब्रह्मचर्य शाबूत उरता असो अणभव आसा.

**- सं.**

**कोडू जिरें : पळयात → जिरें**

**कोथमीर :** (मराठी - कोथिंबीर, हिंदी - धनिया, गुजराती - कोनफीर, कन्नड - कोथंब्री, संस्कृत - धान्यक, इंग्लीश - कॉरिअँडर, लॅटीन - कोरिअँड्रम सॅटायव्हम).

ही एक ल्हान आकाराची वखदी वनस्पत. तिची उंचाय सुमार 40-45 सें. मी. तिचें कांड पोकळ आसता. पानां दोन तरेचीं आसतात. वयलीं पानां ल्हान देंठांचीं, पांखा सारकीं आनी वेगळायिल्लीं आसतात. मुळाकडचीं पानां लांब देंठांचीं, मात्शी पांखा सारकीं आनी वेगळायिल्लीं आसतात. तशींच मुळाकडचीं चड दलां आशिल्लीं आसतात आनी ताचो तळ देंठाक गुठलायिल्लेवरी आसतात. नोव्हेंबर - डिसेंबर ह्या म्हयन्यांत धवीं वा मात्शीं निळशीं, एकसंघ तुऱ्याचेर ल्हानल्हान घोंसांनी फुलां येतात. हे वनस्पतिचें फळ (कोथमीर) मात्शें वाटकुळें, दोन धांपणी जावपी आसून ताचेर उब्यो वळी आसतात. ताचें कांड, पानां आनी फळां हांकां उग्र वास येता. हें पीक चडशें उशण प्रदेशांत जाता. भारतांत उदक शिंपून वर्सांतल्यान केन्नाय ताचें पीक काडटात. कोथमिरेक बरी काळी आनी निचऱ्याची जमीन लागतात. मे - जून वा ऑक्टोबर अशा दोन हंगामांत ह्या पिकाची लागवड करतात. साडेतीन ते चार म्हयन्यांत कोथमिरेचें पीक तयार जाता. ताचीं पानां झडूंक लागतकच तीं झाडां हुमटून काडटात आनी दोन - तीन दीस वतांत सुकयतात. उपरांत खळार ताची मळणी करून



कोथमिऱ्यो फांफडून, निवळ करून सुकोवन दवरतात.

जेवणांत आनी मसाल्यांत कोथमिरिचो उपेग करतात. वासाखातीर आनी वायुचो नाश करपी म्हूण आदल्या काळार वखदांत तिचो उपेग करताले. कोथमिरेंत 'कॉरिअँड्राल' हें उडून वचपी तेल आशिल्ल्यान जेवणाखाणांत तिका बरें म्हत्व आसा. कोथमिऱ्यो उत्तेजन हाडपी, मूत निवळ करपी, वायुचो नाश करपी, पुश्टीक, भूक वाडोवपी आनी कामोत्तेजक आसतात. पोटांतल्यो कळो आनी रक्ती मूळव्याध हांचेर कोथमिऱ्यांचो काडो दितात. त्यो शितळ आशिल्ल्यान गर्मेच्या दिसांनी थंडसाण मेळपाक जिऱ्यावांगडा शिजोवन तें उदक पिवपाक दितात. तशेंच दोळे चुरचुरल्यार कोथमिरेचे उदक दोळ्यांक लायल्यार थंडसाण मेळटा.

कोथमिरेचो पालो - हिका ओली कोथमीर अशें म्हणटात. कोथमिरेच्यो बियो किल्लत घाल्या उपरांत तांकां कोंब फुटून जेन्ना रोंपे वयर येतात तेन्ना तांकां फुलां येवचे पयलीं तीं झाडां हुमटून ताच्यो चुडयो बांदून बाजारांत विकपाक व्हरतात. कोथमिरेच्या पाचव्या पाल्यांत 'अ' जीवनसत्व भरपूर आसता. जेवणाखाणाच्या आनी मसाल्याच्या पदार्थांक बरो वास येवपाक कोथमिरेच्या पाल्याचो उपेग करतात. भाज्यांचे सालाद व तत्सम पदार्थांचेर काथमिरेची पानां घालतात.

**- सं. मं.**

**कोब्बू : पळयात → ऊस**

**कोबलें : 1** : झाडावयलीं फळां काडपाचें एक आयूद. चड करून तें झाडावयले आंबे काडूंक वापरता. धायेक फूट लांबायेच्या कोंड्या बडयेच्या एका तोंकाक, लोखणी वाटकुळी आटी बसयता. तिचेर सुंबाची वा सुताची जाळी बसयता. जाळयेचें तोंड आटयेचेर आनी तिचें सकयलें पोंत बंद आसता.

आंबे काडपी मनीस झाडार चडून कोबल्याची दांडी धरून, लोखणी आटयेभितर आंब्यां-घोंस घेता आनी दांडी आपलेवटेन खेंचता, तेन्ना आंटयेच्या कांठाक घस्टून, आंब्याचो देठ तुट्टा आनी अशे तरेन देंठापासून कोंचिल्लो आंबो, अचळय कोंबल्याचे जाळयेंत येता. अशा कोंचिल्ल्या आंब्यांनी जाळी भरतकीर, आंबो काडपी जाळयेंतले आंबे, झाडार घेतिल्ल्या पाटलेंत घालता आनी पाटलेक दोरी बांदून पाटली सकयल देंवयता.

कोंबल्याचे लांबायेक लागून, आंबे काडटल्याक दर खांदयेर चडचो पडना, तर एकाच जाग्यार रावून सभोंवतणिच्या खांदयांवयले आंबे तो काडूंक शकता.

**कोबलें - 2** : उदकांतल्यो कुल्ल्यो धरपाचें, एक पारंपारीक आयूद. लोखणाचे वाटकुळें आंटयेक सुंबाची वा सुताची जाळी बांदता. ती जाळी उदकाचे खरीक देंवोवपाक लोखणाचे आटयेक दोरी बांदता. उदकांत देंवोंवचे पयलीं कुल्ल्यांक आकर्शीत करपाक लोखणा आटयेक हांयस (खावड) बांदता. हांयसाच्या वासान कुल्ली जाळयेंत येवंन हांयस खावपाक लागता, जेन्ना दोरी ओडून कोबलें उदकावयर काडटा तेन्ना हांयस खावंक बशिल्ली कुल्ली ते जाळयेंतच उरता. तिका भायर काडून धरलेउप्रांत पर्थून कोबलें उदकांत देंवयता. ह्या कोबल्याक झ्यारी अशेंय म्हणटात.

**- सं.**

**कोबी (कोबू)** : (मराठी - कोबी, हिंदी - बंद गोबी, गुजराती - पानकोबी, कन्नड - कोबीगड्डी, इंग्लीश - कॅबेज, लॅटीन - ब्रॅसिका ओलेरेसिया)

एक भाजी. एकार एक पाकळ्यो गच्च गुंथून आशिल्लो गुलाबाच्या फुलावरी दिसपी, म्हणून ताका 'फूल कोबी' अशेंय म्हणटात. कोबी हो कॉलिफ्लावर क्लोनकोहल आनी ब्रोकोली हांचे जातींत येता. कोबिचो गड्डो ही हे वनस्पतिची मोठी कळी, मांसाळ पानांनी भरिल्ली आसता. ही कळी म्हळ्यार गड्डो, कोबिच्या



मध्यभागांत आसता. आनी ह्याच जाग्यार ताची पुराय वाड जाता. कोबीक सांगो जातात. दरेक सांगेक 4 ते 5 बियो आसतात. ह्यो बियो तांबशा रंगाच्यो आसून वाटकुळ्योच सांसवांभशेन आसतात.

सादारपणान कोबी भाजयेखातीर वापरतात, ताका लागून तो जून जावंचे पयलीं काडटात. देखून ताका फूल येवपाक पावना. पूण बीं जाय जाल्यार कोबी राखून दवरचो पडटा. अशा राखून दवरिल्ल्या कोबीचीं पानां पाचवीं जातात. तीं कवळिल्लीं नासतात. ताका लागून कांड लांब जाता.ह्या कांडाक मागीर फुलां येता. हीं फुलां धवीं आसतात. ह्या फुलांक सांगो जाता आनी सांगांक बियो येतात. ह्या बियांचो उपेग फकत नवी लागवड करपाखातिरूच जाता. कोबिचे भाजयेची वा वनस्पतिची वाड जातासतना 5-6 सप्तकां जर तापमान 10 से. सकल देवलें, तर फुडल्या गिमाक ताका फुलां येतात. ताची बीज पेटिका (Siliqua) 5 ते 10 से. मी. लांब, सपाट आंग आशिल्ली, बारीक चोंचिंवरीं आसता. बी ल्हान, वाटकुळीं आनी काळपट मातये रंगाची आसता. पानांचो आकार, रंग तशेंच गड्डयाचो आकार, रंग आनी घटसाण हाचेवेल्यान कोबिचे प्रकार थारतात.

1) वाटकुळो गड्डो : प्राइड ऑफ इंडिया, गोल्ड एकर, कोपनहेगम मार्केट.

2) पसरट गड्डो : पुसाड्रमहेड

3) शंखाकार गड्डो : जर्सी वेकफिल्ड

4) सॅव्हॉय चीफ्टन वाटकुळो गड्डो : 60 ते 80 दिसांभितर पुराय जातात. तर हे गड्ड्यांक 100 वयर दीस लागतात. तसोच

5) तांबडो कोबी : हो कोबी रंगान तांबडो आसता. कोबींत 'क', 'ब2', 'ब' आनी 'अ' हीं जीवनसत्वां तशेंच जायतीं खनिजां मेळटात. देखून 0 अंश से. तापमानांत 4 म्हयने सांबाळून दवरूं येता.

आतां हालिंसरा मुखार आयिल्ल्यो चिनी आनी इटली प्रजातीच्या कोबीची लागवड लोक करूंक लागल्या. हे प्रजातींतलें उत्पादन आदल्या कोबी परस चड आनी बेगीन मेळटा.

कोबी मूळ युरोप खंडांतलो. भारतांत कोबीचें पीक, गरम हवामानाक लागून वर्साक एकूच फावट घेतात. कोबींत पुश्टीक जीवनसत्वां मेळिल्ले कारणान जेवणाकडेन ताचो उपेग बरेतरेन करतात. कोबीची भाजी तर जालीच, तेभायर कोबीचे कुडके आंबोवन आनी थोडें मीठ घालून 'सावरक्राउट' नांवाचो जिनस करतात. कोबी मंचुरियन नांवांचें चिनी पद्दतिचें खाण सद्याक लोकप्रिय जालां. पिवपाच्या सुपांतूय कोबी चिरून घालतात. सालादांतूय ताचो उपेग करतात. लोणचें, भजींय करतात. लग्न सुवाळो वा हेर कसल्याय सुवाळ्यावेळार जेवणां मेजांची सोबा वाडोवपाखातीर हेर भायजेवांगडा कोबीचेरूय कोरीव काम केल्लें दिसता.

**- सं. मं.**

**कोमुन्यांव** (Comunhao) : किरिस्तांव धर्मांतलो भुरग्याक (चलो आनी चली) आठ वर्सां पुराय जातकीर करपाचो एक संस्कार. आठ वर्सांचेर भुरगें दिसपट्टी प्रार्थना करता जाल्ल्यान, तें आपलो पयलो कोमुन्यांव घेवपाक तयार जाता. भुरग्याचो पयलो कोम्युन्यांव भुरग्याचे तशें घरच्यांचे जिणेंतलो म्हत्त्वाचो संस्कार.

ह्या संस्काराच्या वेळार, पाद्रीन सोऱ्यांत बुडयल्लो 'पार्तिकुलांव' (पाव) भुरग्याचे जिबेर दवरतकीर तो ताणें गिळचो आसता. पाव आनी सोरो ह्यो जेजूच्या अस्थी

आनी रगत हांच्यो प्रतिमा मानतात. ह्या संस्कारावेळार चल्या भुरग्याक न्हवऱ्याचो आनी चली भुरग्याक व्हंकलेचो भेस न्हेसयतात. लग्न कार्याक आफयता, तशे पयल्या कोमुन्यांवाक सोयऱ्यांक-धायऱ्यांक घराकडेन आफोवन तांका खाण-जेवण दितात. पयल्या कोमुन्यांवा उप्रांत मागीर ताणें थारावीक काळांत फुडले कोमुन्यांव घेवंचे आसता.

कोमुन्यांव हें पुर्तुगीज उत्तर. संबंध जोडप असो ताचो अर्थ जाता. ह्या संस्कारावरवीं भुरगें देवालागीं तशें भुरग्याच्या संबंधीत मनशांलागीं संबंध जोडून सामाजीक नातें जोडटा असो संकेत आसा.

- **सं.**

**कोमुनीदाद** : ग्रामीण थळावे स्वराज्य संस्थेची व्हड परंपरा आसली, गोंय प्रदेशांतली एक पुरातन सहकारी पद्दतिची कृषीप्रधान स्वायत्त संस्था. हिचें आदलें नांव 'गांवकारी' आसलें. पुर्तुगिजांनी हिचें 'कोमुनीदाद' अशें नामकरण केलें. आदल्या काळांतल्या 'कोमुनिटी' आनी 'कोम्यून' संस्थांवयल्यान 'कोमुनीदाद' हें पुर्तुगीज उतर घडलां आसूं येता.

डॉ. व्ही. टी. गुणे हाच्या मतान पोर्तुगेज गोंयांत येवचे आदीं कितलेशेच शेंकडे, ह्या वाठारांत स्वायत्त प्रशासकीय ग्रामसंस्था आसल्यो पोर्तुगेज कायद्यांत 'गांवकारीयास' (Gauncarias) 'गांवकारीया' (Gaoncaria), काम्र आग्रारिय (Camara Agraria) आनी कोमुनिदाद (Comunidade) असो हे संस्थेचो उल्लेख केला.

प्रो. एस. आर. फळ हाच्या मतान कोमुनिदाद ही फक्त शेतकी संस्था वा संघ न्हय. तिका एक सामाजीक आनी आर्थीक वेगळेपण आसून, एक खास कायदेशीर अस्तित्व आसा. कोमुनिदादीक मुळावे, नगरपालिका आनी न्यायीक कायदे चालीक लावपाचो अधिकार आसता. धार्मीक समारंभाचो खर्च भागोवप, भौसाक शिक्षण आनी हेर आदार दिवप सगळे तरेचीं झगडीं - झुजां मिटोवप, आपले कक्षेंत येवपी गुन्यांवकारांक ख्यास्त करप हीं हे संस्थेचीं कर्तव्यां आसात.

डॉ. जे. सी. आल्मैदा हाच्या मतान कोमुनिदाद ही एक शेतकी संस्था. हे संस्थेचे वांगडी गांवचे मूळ गांवकार आसताले. ह्या सगळ्या गांवकारांची शेतवड सगळे वांगडी एकठांय पिकयताले आनी ह्या शेताच्या धंद्यांतल्यान जावपी फायदो आनी लुकसाण थारायिल्लेप्रमाण वांटून घेताले.

कोमुनिदाद हें उतर मूळ पोर्तुगेज भाशेंतल्यान आयलां. पोर्तुगेज भाशेंत ह्या उतराचो अर्थ 'जमात' (Community) वा 'समाज' असो जाता. कोमुनिदाद हे ग्रामसंस्थेचे उत्पत्तिविशीं सारकी म्हायती मेळना. जे. सी. आल्मैदाच्या मतान कोमुनिदादिची सुरवात गोंयांत केन्ना आनी खंय जाली हें सांगप बरेंच कठीण आसा. पूण दुबावविरयत ही संस्था क्रिस्ताआदीं कितलिंशींच शतमानां, मनूच्या काळांत घडल्या. कोमुनिदादी संबंदिचें एक पोरनें कागदपत्र 'फोराल द ऊझुश इ कोश्तूमिश दुश गावकारिश इ लाव्राादोरिश दश इल्यश द गोअ' (foral de. usos e. costumes dos gaoncares e Lavradores das Ilhas de Goa) आसा. तें 16 सप्टेंबर 1526 त उजवाडाक आयलें. तातूंत कोणूच कोमुनिदादिचें मूळ सांगूंक शकना अशें म्हळां. गोंयच्या लोक समाजाचो नियाळ घेतना कार्मु आझाव्हेद म्हणटा, 'कोमुनिदादिचें मूळ भूतकाळांत शेणलां.' गोवा लॅण्ड रिफॉर्मस् कमिशनाच्या (1964) मतान, कदंब राजवंश, मुसलमानी सत्ताधीस मलीक हुसेन आनी ताचो चलो सबाय दिलखान आनी निमाणें पोर्तुगेजांनी गोंयचेर राज्य करचेआदीं कितलेशेच शेंकडे अस्तंत घाटावेल्यान कितलिंशींच घराणीं, सेगीत चलपी झुजां, दुकळ ह्या विंगडविंगड कारणांक लागून आपलो मूळ गांव सोडून गोंयांत आयलीं. गोंयांत आयिल्ल्या घराण्यांनी स्वताच्यो संस्था घडयल्यो. घरचो मुखेली ह्या संस्थांचो मुखेली आसतालो. त्या काळांत तांकां 'गांवकार'

(Gaoncares) ह्या नांवान पाचारताले. ह्या गांवकारांनी उपरांत गांवची उदकाळ आनी पिकाळ जमीन तशेंच गांवची पडीक जमीन पिकावळिखाला हाडली. जमनिचेर आदारिल्ले लोक तशेंच नोकर-चाकर, हांकांय शेतपिकावळिखाला हाडपाच्या वावरांत आस्पावन घेतले. अशेतरेन शेतां एकठांय रोवन, तातुंतल्यान मेळपी उत्पन्न सगळेजाणांनी वांटून घेतलें.

सर हेन्री मेन हाच्या मतान स्वायत्त, स्वताची भूंय आशिल्लो ग्रामसंस्था भारतांत हेरकडेन आपलो वावर चलयतात, हें इतिहासीक म्हत्व मतींत दवरून, अशा ग्रामसंस्थांचो अणभव घेतिल्ल्या अस्तंत घाटांवेल्या लोकांनी कोमुनिदादिचें मुळावण गोंयांत घालें. भायल्या संवसाराकडेन आयिल्ल्या संबंदांक लागून कोमुनिदादिंतूय जायते बदल आनी सुदारणा घडल्यो. सुर्वेच्या दिसांनी कोमुनिदाद ही सामाजीक, राजकी आनी शेतकी संस्था आसली. इगर्जी आनी देवळाच्या अंतर्गत कामाचोय तातूंत आस्पाव जातालो. सादारणपणान सद्याचे ग्रामपंचायतिचीं खाशेलेपणां तातूंत आस्पावल्लीं. कालांतरान ती मुळाव्या हकदारांची एक संस्था वा सोसायटीभशेन जाली आनी तिचें मूळ रूप ना जालें. गांवांभायले लोक जे ह्या वाठारांत येवन सासणाचे रावपाक लागले, तांकां हे संस्थेचें वांगडीपण मेळना जालें. खासा हकदारां मदींय असले हक फकत दादल्यांकच मेळटात. बायलांक मेळनात. वांगडीपण मूळ वांगड्यांपुरतें मर्यादीत उरलें. बऱ्याच वर्सा उपरांत कोमुनिदादिच्या कायद्यांत 'सदळसाण आयली जेवरवीं, मूळ वांगडी (आकसांवकार) वा संस्थेचो शेअरधारक आपले शेअर (आक्सांव accoes) हेरांक विकपाक शकतालो.

सैमीक संकश्टांक लागून आनी थळाव्यो गरजो भागोवपाक जेन्ना कोमुनिदादीक दुडवांची गरज लागताली, तेन्ना ह्यो संस्था सावकाराकडेन रीण काडटाल्यो. अशा सावकाराक कोमुनिदादी आक्सांवां (accoes) वा शेअर दिताल्यो. हीं आक्सांवां वा शेअर दुसऱ्याच्या नांवान बदलपाक मेळटाले. कोमुनिदादिच्या मूळ वांगड्यांक (Joneiros) आसपी कांय हक्क आनी अधिकार तांकां फाव जाताले. कोमुनिदादिचे वयले कार्य पद्धतीक लागून दोन तरेच्या वांगड्यांचो वर्ग ह्या संस्थांनी तयार जालो. पयलो वर्ग जणकारांचो (Joneiros) आसलो. मूळ गांवचो दादलो गांवकार जेन्ना कोमुनिदादीन घाल्ली थारावीक वर्सांची पात्रताय पुराय करतालो, तेन्ना ताका कोमुनिदादिचें वांगडीपण मेळटालें. वांगडीपण फकत दादल्यांक फाव जातालें आनी वांगडीपणाखातीर आशिल्ली वर्सांची पात्रताय दर कोमुनिदादींत वेगळीं आसताली. अशा ह्या जणकाराक कोमुनिदादिच्या वर्सुकी येणवळिंतलो कांय वांटो फाव जातालो. हाका 'जण' म्हणटाले. जणकाराचे हक्क आनी अधिकार व्यक्तीगत आसले. आनी ते बापायकडच्यान पुताकडे वताले. ते दुसऱ्याच्या नांवार बदलपाक मेळनासले. कोमुनिदादिच्या दुसऱ्या वर्गाच्या वांगड्यांक आक्सांवकार वा शेअरधारक म्हणटाले. तांचे शेअर कायदेशीरपणान नोंद केल्ले आसताले. हे शेअर दुसऱ्याच्या नांवार बदलपाक मेळटाले. कोमुनिदादिच्या वर्सुकी निव्वळ येणावळिंतलो वांटो लाभांश (dividend) तांकां फाव जातालो. तेभायर 1775 वर्सा पोर्तुगेज सरकारन, गोंयांत कोमुनिदादिच्या पद्दतीन प्रभावीत जावन ही संस्था समाजाच्या तळागाळांत पावची म्हूण यत्न केल्ले, हें 'गोंय, दमण, दीव सरकाराच्या इकोनोमिक सर्व्हेऑफ गोवा, दमण, दीव' (1964) वेल्यान कळटा.

**गोंयच्यो कोमुनिदादी :** गोंयांत सगळ्यो मेळून 224 कोमुनिदादी आसात. गोंयची 50,750 हेक्टर जमीन वा 14 टक्के जमीन कोमुनिदादिकडेन आसा. ही जमीन चडांत चड भातपीक घेवपाखातीर वापरतात. गोंयांत म्हालवार कोमुनिदादिचो आंकडो फुडलेतरेन आसा. तिसवाडी (गोंय) 31, साश्ट - 40, बारदेस - 40, मुरगांव - 14, फोंडें - 28, दिवचल - 21, पेंडणें - 12,

केपें - 24, सांगे - 6, काणकोण - 6, सत्तरी -2.

**तिसवाडींतल्यो कोमुनिदादी :** तिसवाडी म्हालाचो पुराय आवांठ 16,612 हेक्टर. तातुंतले 12,666 हेक्टर क्षेत्र पिकावळिखाल आसा. पिकावळिखाल आशिल्ल्या पुराय वाठारांतली 44.9% सुवात कोमुनिदादिकडेन आसा. हातुंतल्या 3,555 हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक 1,223 हेक्टर वाठारांत काजू झाडां, 24 हेक्टर वाठारांत माड आसात. 989 हेक्टराचो वाठार पडंग आसा. पुराय म्हालाच्या वट्ट भात पिकांतलें 55.5 टक्के उत्पादन कोमुनिदादिचे जमनींत जाता. काजू आनी नाल्लांविशीं हें प्रमाण 71% आसा. बांबोळेची कोमुनिदाद, आवांठान सगळ्यांत व्हड आसून, तातूंत काजूचें पीक व्हड प्रमाणांत येता. कोमुनिदादींत भाताचें पीक व्हड प्रमाणांत जाता. तशेंच ही कोमुनिदाद ह्या म्हालांत सगळ्यांत गिरेस्त आसा. म्हालांतले कोमुनिदादिचें वट्ट येणावळिंतली 55 टक्के येणावळ नेवरा उ ग्रांदि, चोडण, कालापूर आनी करमळेचे येणावळिंतल्यान जमता.

**साश्ट म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** साश्ट म्हालाचो पुराय आवांठ 27,719 हेक्टर आसा. तातुंतली 23,025 हेक्टर जमीन पिकावळिखाल आसा. पुराय म्हालांत 40 कोमुनिदादी आसात. कोमुनिदादिचे वट्ट जमनिंतली 5,337 हेक्टर जमीन भाताचें पीक घेवपाखातीर वापरतात. हें पीक दोन हंगामांत घेतात, पावसाच्या हंगामांत 3,733 हेक्टर जमनिचो तर गिमांत 2,700 हेक्टर जमनिचो भाताचें पीक घेवपाखातीर उपेग जाता. भाताच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन दर हेक्टराक 18 खांडी इतलें आसा. कोमुनिदादीचें सगळेमेळून 10,302 प्लॉट आसात. आनी दरेका प्लॉटान 4,000 चौ. मी. जागो आडायला. मडगांव आनी कुडतरेच्यो कोमुनिदादी साश्टी म्हालांत येणावळ तशेंच भाताच्या पिकाच्या उत्पादनाचे नदरेन सगळ्यांत व्हड आसात.

**बारदेस म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** बारदेस म्हालाचो पुराय आवांठ 26,840 हेक्टर आसा. तातुंतलो 21,037 हेक्टर वाठार पिकावळिखाला येता. म्हालांतल्या 40 कोमुनिदादिंच्या ताब्यांत 8,323 हेक्टर वाठार आसा. तातुंतल्या 3,714 हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक घेतात. 2,091 हेक्टर वाठारांत पावसाळ्यांत, खाजन पद्धतीन पीक घेतात. तर गिमाळ्यांत 3,071 हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक जाता. दर हेक्टराचें सरासरी उत्पादन 20 खांडी इतलें आसा. म्हालांतल्या वट्ट भाताच्या पिकांतलें 55.7% उत्पादन कोमुनिदादिच्या वाठारांत जाता. भाताच्या पिकाखाल आशिल्लो वाठार 98.70 प्लॉटांत वांटिल्लो आसून, तातुंतल्या 3,459 प्लॉटाचो वाठार दरेकाक 4,000 चौ. मी. इतलो आसा. काजूचें पीक 3,232 हेक्टर वाठारांत घेतात. म्हालाच्या वट्ट काजू उत्पादनांतलें 55% उत्पादन कोमुनिदादिच्या वाठारांत जाता. येणावळिविशीं सेरूलाची कोमुनिदाद सगळ्यांत गिरेस्त आसा.

**मुरगांव म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** मुरगांव म्हालाचो पुराय आवांठ 7,831 हेक्टर आसा. तातुंतलो 56% वाठार पिकावळीखाला आसा. पिकावळी खाल आशिल्ल्या वट्ठ वाठारांतली 59% सुवात कोमुनिदादिंकडे आसा. ही सुवात 14 कोमुनिदादीं भिंतर वाटल्या. भात पिकावळिखाला 942 हेक्टर वाठार येता. हेर पिकावळिखाल आशिल्लो वाठार आनी पडंग जमीन मेळून 1,610 हेक्टर वाठार कोमुनिदादिंकडेन आसा. भाताच्या पिकाचे नदरेन कुठ्ठाळी, कुयेली आनी आरोसीची कोमुनिदाद म्हत्वाची आसून तांचेकडेन अनुक्रमान 419 हेक्टर, 114 हेक्टर, 102 हेक्टर वाठार आसात. केळशी, दाबोळी, सोर्सीम कोमुनिदादिंतल्यान वाठारांत भाताच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन अनुक्रमान 2,924 आनी 21 खांडी इतलें आसा. म्हालांत 1,322 प्लॉट आसात. प्लॉटाचो आवांठ 4,000 चौ. मी. आसा.

**फोंडें म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** फोंडें म्हालाचो पुराय आवांठ 25,229 हेक्टर आसा. तातुंतलो 22,844 हेक्टर वाठार पिकावळीखातीर फावोसो आसा. पिकावळिखातीर फावसो आशिल्लो 35% वाठार (7,985 हेक्टर) कोमुनिदादिंकडेन आसा. हो वाठार 28 कोमुनिदादिंभितर वांटला. वट्ट वाठारांतली 5,780 हेक्टर सुवात पडंग, तर 1,174 हेक्टर सुवात नापीक आसा. फकत 680 हेक्टर वाठार भाताचे पिकावळीखाल आसा. पावसांत 312 हेक्टर वाठारांत, गिमांत 12 हेक्टर वाठारांत, वयल्या दोनूय हंगामांत 356 हेक्टर वाठारांत, तर खाजन पद्धतीन 63 हेक्टर वाठारांत भाताचें पीक घेतात. कोमुनिदादिंचें भाताच्या पिकाचें सरासरी उत्पादन दर हेक्टराक 29 खांडी इतलें आसा. भाताच्या पिकाचे वट्ट 1, 718 प्लॉट आसात. तातुंतल्या 760 प्लाटांचो वाठार दरेकी 4,000 चौ. मी. इतलो आसा. भात - पिकावळिचो वाठार आनी येणावळ हे नदरेन मडकयची कोमुनिदाद म्हालांत सगळ्यांत गिरेस्त आसा.

**दिवचल म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** दिवचल म्हालाचो पुराय आवांठ 23,633 हेक्टर इतलो आसा. तातुंतलो 19,732 हेक्टर वाठार पिकावळिखातीर फावसो आसा. म्हालांत 21 कोमुनिदादी आसून तांचेकडेन 2,960 हेक्टर वाठारा आसा. भाताच्या पिकाचे पिकावळिखाला 407 हेक्टर वाठार आसात. तातुंतलो 290 हेक्टर वाठार खाजन पद्धतिचो तर 279 हेक्टर वाठार पावसाळी भाताचें पीक पिकोवपाखातीर वापरतात.

भाताचें दर हेक्टरी उत्पादन 15 खांडी इतलें जाता. भाताच्या पिकाचो वाठार 800 प्लॉटांनी वांटिल्लो आसा. तातुंतल्या 417 प्लॉटांचो आवांठ दरेकी 4,000 चौ. मी. आसा. ह्या कोमुनिदादींक शेअरधारक वांगडी नात. हे संस्थेचे वांगडी 'जणकार' आसून चडशे गांवांतूच रावतात. भात पीक आनी येणावळ हे नदरेंतल्यान आमोणें आनी नावेलीच्यो कोमुनिदादी सगळ्यांत व्हड आसात.

**पेडणें म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** पेडणें म्हालाचो पुराय आवांठ 24,200 हेक्टर आसा. तातुंतलो 22,248 हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. पिकाळ वाठारांतली 6% म्हळ्यार 1,333 हेक्टर सुवात कोमुनिदादिकडेन आसा. म्हालांत 12 कोमुनिदादी आसात. इब्रामपूरची कोमुनिदाद चड येणावळीक लागून गिरेस्त आसा.

**केंपे म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** केपें म्हालाचो पुराय आवांठ 34,731 हेक्टर आसात. तातुंतलो 33,479 हेक्टर वाठार पिकां काडपाक योग्य आसात. म्हालांत सगळ्या मेळूंक 24 कोमुनिदादी आसा. हातुंतलो 173 हेक्टर वाठार भाताच्या पिकाखातीर वापरतात. दर हेक्टराक भाताच्या पिकाचें उत्पादन 7 खांडी इतलें आसा. चड करून सगळीं पिकां पावसांत घेतात. कोमुनिदादिचे वांगडी फक्त 'जणकार' आसात. तशेंच ह्या म्हालांतल्यो कोमुनिदादी आपली येणावळ 'तोक्सीमा' हें पद्धतीन वांटतात. तोक्सीमा दिवपाच्यो पद्धती फुडलेतरेन आसात. 1) दरेक वागोराक तोक्सीमा दिवप 2) दरेक बाबजी सिनायाक तोक्सीमा दिवप 3) दरेक बाल सिनायाक तोक्सीमा दिवप 4) दरेक कुलकर्ण्याक तोक्सीमा दिवप 5) दरेक गांवकाराक तोक्सीमा दिवप 6) दरेक मोठाक तोक्सीमा दिवप 7) दरेक शिरवैकाराक तोक्सीमा दिवप 8) दरेक देसायाक तोक्सीमा दिवप 9) दरेक फट्टे देसायाक तोक्सीमा दिवप.

**सांगे म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** सांगे म्हालाचो पुराय आवांठ 88,660 हेक्टर आसा. तातुंतलो 84,511 हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. पिकाळ वाठारांतली फकत 0.4% वा 299 हेक्टर सुवात कोमुनिदादिंकडेन आसा. ही सुवात 6 कोमुनिदादिंनी वाटल्या. भाताचे पिकावळिखातीर 115 हेक्टर वाठार वापरतात. हातुंतल्या 13 हेक्टर वाठारांत पावसांत, 46 हेक्टर वाठारांत गिमाळ्यांत, तर 56 हेक्टर वाठारांत

दोनूय हंगामांत भाताचें पीक घेतात. दरेक हेक्टराक भाताच्या पिकाचें उत्पादन 18 खांडी इतलें आसा. भाताच्या पिकावळिचो वाठार 230 प्लॉटांनी वांटल्या. तातुंतल्या आनी भाताचे पिकावळिचे नदरेन ही कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड आसा.

**काणकोण म्हालांतल्यो कोमुनिदादी :** काणकोण म्हालाचो पुराय आवांठ 34,726 हेक्टर आसा. तातुंतलो 33,502 हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. म्हालांतल्या स कोमुनिदादिंकडेन फकत 53 हेक्टर वाठार आसा. कोमुनिदादिंचो चडसो वाठार भाताचे पिकावळिखातीर वापरतात. हें पीक दोनूय हंगामांत घेतात. भाताचे पिकावळिखाला 109 प्लॉट आसात. तातुंतले अठरा प्लॉट दरेकी 2,000 ते 2,999 चौ. मी. आवांठाचे आसात. दर हेक्टराचें सरासरी उत्पादन 13 खांडी इतलें आसा. वट्ट येणावळ, वांगड्यांक दिवपांक येवपी 'जणाचो' वट्ट आंकडो, भाताचे पिकावळिखाल आशिल्लो वाठार हे नदरेंतल्यान, म्हालांत खोलांतली कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड आसा.

**सत्तरी म्हालांतलो कोमुनिदादी :** सत्तरी म्हालाचो पुराय आवांठ 51,284 हेक्टर आसा. तातुंतलो 49,054 हेक्टर वाठार पिकाळ आसा. भाताचे पिकावळिखाल आशिल्लो वाठार आनी येणावळ हे नदरेन पिसुर्लेंची कोमुनिदाद सगळ्यांत व्हड.

गोंयांत कोमुनिदादिंच्या मुंडकारांचो वट्ट आंकडो तीस हजारांचेर पावता. 1954 आनी 1955 वर्सा 29,900 मुंडकारांची नोंद जाल्ली. 1961 त होच आंकडो कायम आसलो. तिसवाडी, बारदेस आनी साश्टी म्हालांत, कोमुनिदादिचे भौसंख्य मुंडकार आसात. सुरवेक कांय काळ प्लॉट पावणेर काडून मुंडकारांक भात पिकोवपाखातीर आनी सद्या प्लॉट थारावीक वर्सांची कबलात करून दितात. काजू आनी माडयो 3 वा 9 वर्सांची कबलात करून भाड्यान दितात.

**कोमुनिदादिंचें प्रसाशन :** कोमुनिदादिंची प्रशासकीय समिती तीन वांगड्यांची आसता. सरकार हे संस्थेच्या योग्य वांगड्यांमदल्यान तिचेर अध्यक्ष नेमता. ॲटर्नी (प्रोकुरादोर वा अधिकारी) तशेंच खजिनदार योग्य वांगड्यांमदल्यान कोमुनिदाद वेंचून काडटा. दरेक म्हालांतले कोमुनिदादिंचेर एक सरकारी प्रशासक आसता. मार्च 1965 मेरेन तिसवाडी, साश्ट आनी बारदेस म्हालांनी कोमुनिदादिंचेर एक स्वतंत्र कोमुनिदाद प्रकाशक आसतालो. हेर म्हालांतल्या कोमुनिदादिंचें प्रशासन त्या त्या म्हालाचो शासकीय प्रशासक पळेतालो. सत्तरी म्हालांतल्या दोन कोमुनिदादिंचें प्रशासन दिवचल म्हाल प्रशासकाच्या हाताखाल येतालें.

सद्या साश्टी, मुरगांव, केपें, काणकोण आनी सांगें म्हालांतल्यो कोमुनिदादीं, साश्टी म्हाल कोमुनिदादिंच्या प्रशासकाच्या अधिकाराखाल येतात. फोंडें आनी उत्तर गोंय म्हालांतल्यो कोमुनिदादी तिसवाडी कोमुनिदादिंच्या प्रशासकाच्या अधिकाराखाला येतात. कोमुनिदादिंचे सगळे प्रशासक कोमुनिदादी प्रशासनाच्या अधिकाराखाल येतात. कोमुनिदादिंचे सगळे प्रशासक, नागरी प्रशासनाच्या निर्देशकाच्या नेमांप्रमाण वावर करतात. गरजेप्रमाण हे प्रशासनावेवस्थेंत फाव ते बदल जायत रावतात.

**कोमुनिदादिंच्या वांगड्यांचे हक्क आनी अधिकार :** कोमुनिदादिंत जणकार, शेअरधारक आनी वांटो घेवपी अशे तीन तरेचे वांगडी आसात. कांय कोमुनिदादिच्या मूळ गांवकऱ्यांनी 'कुलकर्णी' ह्या वर्गाक आपलेभितर आस्पावन घेतला. साश्ट, बारदेस आनी मुरगांव म्हालांतल्या कोमुनिदादींत खास करून जणकार, आनी शेअरधारक आसात. तर केपें, काणकोण, सांगें, दिवचल सत्तरी म्हालांतल्या कोमुनिदादिंनी चडशे गांवकार आसात. फोंडें म्हालांतल्या कोमुनिदादिंनी वांगडी भाग घेवपी वा वांटो घेवपी आसात. कोमुनिदादिंच्या वांगड्यां मेळपी हक्क, अधिकार आनी हेर सुविधा फुडलेतरेन आसात : 1) कोमुनिदादिंच्या निव्वळ फायद्यांत वा

येणावळींत वांटो मेळोवपाचो अधिकार वांगड्यांक आसता. 2) वांगड्यांक कोमुनिदादिंच्या रित्या सुवातिंनी नेमूं येता वा रिती सुवात भरपाखातीर ताका भोवमतान वेंचून काडूं येता. 3) कोमुनिदादिंचे बसकेंत वांटो घेवप, भासभास करप, मतदान करप, आपलें मत परगटावप. 4) कोमुनिदादिंची तूट भरून काडप. 5) प्रशासकीय समितिच्यो बसका आपोवन आनी घेवप. 6) येणावळ आनी खर्चाचे हिशेब तपासप, तशेंच उत्पादनाविशिंचे आराखडे तयार करप. 7) कोमुनिदादिंच्या खंयच्याय कायद्याआड जाप विचारप वा अपील करप. 8) कोमुनिदादिंच्या वेव्हारांत वा वावरांत दिशिल्ल्यो तुटी वा उणेंपण दाखोवन दिवप.

सद्या कोमुनिदाद, कांय थारावीक वर्गाची मक्तेदारी जाल्या. एका काळार गांवचो सर्वांगीण विकास करपाक झटपी कोमुनिदाद ह्या ग्रामसंस्थांचो वावर सद्याक खुबूच मोटवो जाला. जल्माच्या दायजान मेळिल्लें गांवकारपण वा शेअर्स विकते घेवन मेळयिल्लें वांगडिपण हांचेपुरतोच कोमुनिदादिंचे येणावळिचो लाव मर्यादीत उल्ला. कोमुनिदादिंचे वांगडी कोमुनिदादिंच्या आवांठाभायर सदांखातीर राबितो करून रावल्यार लेगीत वंशपरंपरेन ते कोमुनिदादिंचे येणावळिचो फायदो घेवंक शकता.

हाचे उरफाटें, कोमुनिदादिंच्या वाठारांत रावनूय कोमुनिदादिंच्या वांगड्यांभायर आशिल्ल्या लोकांक कोमुनिदादिंचो लाव मेळना आनी त्या कारणांक लागून तांकां खऱ्या अर्थान लोकशाय तत्त्वाची ग्रामसंस्था म्हणूंक जावंच्चेना.

कोमुनिदाद, हे एका काळार तुस्त जाल्ले ग्रामसंस्थेचें, वेल्या कारणांखातीर सहकारी शेती संस्थेंत वा ग्रामपंचायतींत विसर्जन करचें, अशें काय जाणाकारांचें मत आसा, तर सद्याचे कोमुनिदादिंचे अवस्थेंत फाव ते बदल करून तिका तिचें मूळ रूप दिवन गांवचे सर्वांगीण उदरगतिखातीर झटपी ग्रामसंस्था करची, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

**- सं. मं.**

**कोयतेवाल :** (मराठी : घेवडा, संस्कृत : महाशिंबी, हिंदी : चार कोनी सेम, गुजराती : परवोलिया, इंग्लीश : विंग्डगोवा - मॅनिला - प्रिन्सेस बीन, लॅटीन : सोफोकार्पस टेट्रॅगोनोलोबस)

हे रानभाजयेचे सांगेचो आकार कोयत्या भशेन आशिल्ल्यान तिका 'कोयतेवाल' म्हणटात. तिका घेवडो, पापडेच्यो सांगो, खरसामली अशा नांवांनी वळखतात. ती एक वाल आशिल्ल्यान कितलेय उंचायेचेर चडपाक शकता. हिची पानां संयुक्त, त्रिदली आसता. हिका फुलां फुलतात. ती मात्शीं आकारान व्हड, रंगान धवीं आसतात. तिची फळां (सांगो) पाचवींचार, 10-20 सेंमी लांब आसतात. ह्या सांगांचेर चार धारो आसून, दरएका धारेच्या पाखाक मोव त्रिकोणी दांत आसतात.

हिची लागवड हेर भाजीपाल्याच्या पिकांप्रमाण व्हड प्रमाणांत करिनात. पावसादिसांनीं बीं रोयतात आनी पीक शियां दिसानीं मेळटा. आळीं करून बीं लायतात. बीं फुटून वेल वाडपाक लागली म्हणटकीर ही वेल आड्याचेर वा माटवार चडोवन पसरूंक दितात. तिची लागवड जाल्या उपरांत चार-पांच म्हयन्यांनी सांगो लागता. ह्यो सांगो जशो जशो तयार जातात तशो तशो त्यो काडच्यो पडटात. एकदा लायिल्ली ही वाल दोन वर्सां मेरेन तिगता. वालिंच्या मशागती आनी विस्ताराप्रमाण दर सप्तकांत दर एका वालीपासून सुमार 25 सांगो मेळटात.

कोंकणांत ही वाल चड करून आड्यांचेर वा माटवार चडयिल्ल्यो आसतात.

हे सांगेची आनी तिच्या मांसाळ मुळांची भाजी करून खातात. ही भाजी पुश्टीक आसल्यान जिरवणेक बरी पडटा.

**- सं. मं.**

**कोयंडो बाल :** एक पारंपारीक गांवठी खेळ. ह्या खेळाक कांय जाण 'कोयंडे बार' म्हणटात. कांय जाण 'गोंयनो बार' तर कांय जाण 'आट्टी' म्हणटात.

हो खेळ खूप पोरणो आसूंक जाय. ह्या खेळाविशीं पुराण ग्रंथांनीं संदर्भ आयल्यात. कौरव - पांडव हो खेळ खेळटाले आनी एक फावट तांचें बाल बांयंत पडलें तेन्ना तांचो गुरू द्रोणाचार्य हाणें, बांयंत देवनासतना तें बाल वयर काडलें, हाचो उल्लेख महाभारतांत आयला. बालाचीं तोंका तासून बारीक केल्ल्यान तीं जमनिपासून मात्शीं वयर उरता. खंयच्याय तोंकार जेन्ना वयल्यान धपको बसता तेन्ना बाल पिट्ट करून वयर उसळटा. ह्या सिद्धांताचेर आदारीत कोंयडे - बालाचो खेळ चलता. होच सिद्धांत वापरून द्रोणाचार्यान बांयच्या काठार रावून बांयंत पडिल्लें बाल वयर काडलां आसूं येता. लीळा चरित्रांत यादव काळांत खेळपी ह्या खेळाचें वर्णन आयलां. ज्ञानेश्वरींतय ह्या खेळाचो उल्लेख आसा. (ज्ञानेश्वरी 11.548). संत एकनाथाच्या रुपकांत ह्या खेळाचो नितीबोध करपाक संदर्भ आयला.

1) साहित्य : कोंड्याचो सुमार फुटभर लांब कुडको, हाका 'कोयंडो' म्हणटात. तर चार-पांच इंच लांबायेच्या कुडक्याक 'बाल', 'बार' म्हणटात. बालाचीं दोनय तोंकां तासून तांकां बालाच्या हेर भागापरस बारीक करतात.

2) खेळाचो प्रकार : हो खेळ दोन पंगडानीं खेळटात. हो सांघीक आनी मैदानी खेळ. उण्यांत उणें दोग जाण हो खेळ खेळूंक शकतात. पूण सर्वसादारण पणान एका पंगडांत पांच - स खेळगडे आसता.

विस्तृत अशा मैदानार वा मळार हो खेळ खेळटात. 10 ते 16 वर्सा पिरायेचे भुरगे हो खेळ खेळटात.

3) खेळपाचो वेळ - सकाळचो वा सांजेचो.

4) नेम आनी अटी : 1) दोनय पंगडांत सारके गडी आसतात. 2) कोयंडो घेवन खेळपी पंगडाचो एकूच गडी खेळटा. 3) बार जिखूंक रावपी पंगडाचे सगळे गडी खेळटात.

5) खेळपाची पद्धत/ रीत : ह्या खेळांत दोन प्रतिस्पर्धी पंगड आसतात. एका पंगडांत 5, 6 जाण आसतात. सुरवेक कुरू बावलो उडोवन कोयंडो खंयच्या पंगडान खेळप आनी बार जिखूंक खंयच्या पंगडान रावप तें थारायतात.

खेळाक सुरवात करचे पयलीं जमनीर सुमार 4 ते 6 इंच लांब, देड इंच रुंद आनी दोन उंच खोल चीर काडटात. हाका 'हूर' म्हणटात. कोयंडो खेळपी पंगडांतलो गडी हुरीर बाल आडवें दवरता आनी कोयंडो वा दुसरी ल्हान बडी (खोलती) घेता ती बाला पोंदचे चिरींत घालून 'खोले' करून बार हवेंत मुखार उडयता. ह्या वेळार जिखपी पंगडांतले हें बार वयले वयर जिखपाचो यत्न करतात. जर बाल जिखपी पंगडान हें बार वयले वयर जिखलें जाल्यार खोले करपी गडी बाद जाता. मागीर



कोयंडो बाल खेळटांना



कोयंडो आनी बाल

तांचो दुसरो गडी खेळटा.

बार जर जिखलें ना तर ताका जिवदान मेळटा. उपरांत खोले करपी गडी हुरींत कोंयडो बोटाच्या आदारान वा दुसऱ्या बडयेच्या आदारान उबो करता. नाच जाल्यार हुरीकडेनच आडवो दवरता. जिखपी पंगडांतले खेळगडे खोले केल्लें बाल जंय पडलां थंयच्यान तें कोयंड्याक मोखतात. जर तें कोयंड्याक मोखलें जाल्यार तो गडी बाद जाता. तांचो दुसरो गडी खेळटा. हेंवूय खेपे ताका जीवदान मेळ्ळें तर तो कोयंडो घेवन बार पडलां थंयच ताचे एके कडेर मारून बाल हवेंत वयर हुबयता आनी वयले वयर परत कोंयड्यान तबली (धपको) मारून बाल पयस मोखून मारता.

हे तरेन ताका बालाचेर सेगीत तीन खेपो तबली मारून बार पयस मोखून मारपाची संद मेळटा. उपरांत बार जंय पडटा थंयच्यान चिरेच्या खयच्याय एका पोता मेरेन कितले कोयंडे जातात ताचो अदमास करता आनी त्याप्रमाण 5, 10, 15, 20 अशा संख्येन गूण मागता. ताणें मागल्यात तितले जातले अशें दिसलें तर मोखपी खेळगडे 'व्हर' म्हणून संमती दितात. नाजाल्यार कोयंडो घेवन तें अंतर मेजतात. मेजून तें अंतर उणें जालें जाल्यार तो खेळगडो बाद जाता. तांचो दुसरो गडो खोले करून खेळटा. मेजाचे पयलीं गूण - मागणी करिनासतना प्रत्यक्षांत मेजून गूण घेवपाची चाल सर्रासपणान चलता. हूर आनी बाल हांचेमदलें अंतर मेजपाची एक थारावीक परिभास आसा. कोंकणांत वापरांत आशिल्ली परिभास अशी आसा. 1) पाव, चेट, मेट, भिरमूट, घोडा; दुच्ची, काला, झील. 2) पाव, चिटी, मिटी, घड, फूग दुच्ची, काला, झील. आठ उतरांची ही परिभास म्हणजे आठ कोंयड्यांचें अंतर मेजप आनी ह्या अंतराची एक 'झील' धरप. खेळ सुरू करचे पयलीं अमुकूच 'झिली' पुराय करपाची बोली केल्ली आसता. जो पंगड ही बोली पयलीं पुराय करता तो पंगड हो खेळ जिखता.

तशेंच खेळगडो बालाचेर तवली मारून खेळटना ताणें बार वयले वयर दोन खेपे कोयंड्याचेर खेळलो जाल्यार कोयंड्याच्या मापान मेजतात तें अंतर बाराच्या मापान अदमास करून मागता. तीन खेपे वयले वयर खेळ्ळो जाल्यार बाराच्या मापान दोन खेपे मेजतात. ह्या सगल्या तरेन बाद जायनासतना उल्लो जाल्यार तो खेळगडी परत खेळपाची संद घेता. आनी बाद जायमेरेन खेळटा.

खोले करून दुसऱ्या खेळगड्यांनी मोखिल्या बालाक खेळपाक ताका तीन खेपेची संद मेळटा. तिनय खेपे तो तवली मारूंक चुकलो जाल्यारय तो गडी बाद जाता. उपरांत तांचो दुसरो खेळगडो खेळटा.

एका पंगडाचे खेळगडे सोपले म्हणटकीत दुसरो पंगड खोले करता आनी पयलो पंगड बाल जिखूंक रावता. दोनय पंगडांचें खेळून जातकीर कोणाचे चड जाल्यात तो पंगड जिखता.

जिखिल्ल्या पंगडांतले खेळगडे उपरांत प्रत्येक जाण वेगवेगळ्या तरेन खेळून बाल पयस मोखून मारतात आनी हारिल्ल्या पंगडाचे खेळगडे तें हातांत धरून तोंडांन 'आऽऽट्टी' असो सूर धरून धांवत खोले करपाचे चिरीमेरेन हाडटात. एकल्याचो सूर जंय सोपता थंयच्यान बाल हातांत घेवन दुसरो सूर धरून धावता. आनी बाल चिरीमेरेन पावयतात.

जिखिल्ले खेळगडे वेगवेगळ्या तरेन बाल पयस मोखून मारतात ताका सकयल्या प्रमाण म्हणटात :- 1) खोजें - खोजें म्हळ्यार कोयंडो एके वटेन मुठींत उबो धरता. मुठीर कोयंड्यार तेकोवन बाल दवरता. बाल वयर हुबोवन कोयंड्यान तवली मारता.

ब) पाव : बाल खंच्याय पायांच्या चपक्याचेर दवरून मातशें वयले वयर हुबयता आनी कोयंड्यान तवली मारून, पयस मोखून मारता.

क) घोडा : डाव्या हाताचें निमाणें आनी आंगठ्या कडल्यान दुसरें बोट सरळ करता. उरिल्लीं बोटां दोडून हात ओमथो धरता. सरळ आशिल्या दोनय बोटांचेर बाल दवरता. तें वयर हुबोवन कोयंड्यान तवली मारून पयस मोखून मारता.

ड) काला : मळबा वटेन पळयत तकली उदारी करता.

ग़ार नाकार आनी दोळ्यांचे मदीं दवरता. तकली ओमथी करतासतना बार सकल पडटा, तेन्नां कोयंड्यान ताका तवली मारून पयस मोखून मारता.

इ) दुच्ची : दाव्या हाताचो लांबोडको पोसो उदारो धरतात. ताचेर बार दवरता. तें मातशें वयले वयर हुबोवन आनी कोयंड्यान तवली मारून पयस मोखता.

हांगा बाल वयलेवयर जिखून घेवपी संद जिखपी खेळगड्यांक मेळटा. बाल जिखून घेतलें तर बाल मारपी (खेळपी) खेळगडो बाद जाता. बाल जिखूंक पावलो ना तर जिखपी पंगडांतलो खेळगडो तें बाल आपली कळाशी वापरून मारपी खेळगड्याकडेन अशे रितीन शेंवटिता की, एक तर मारपी खेळगडो आपल्या कोयंड्यांत त्या बाळाक वावुरडल्या उपरांत ताचो झेल अचळय जिखपी पंगडांतल्या खंयच्याय खेळगड्याच्या हातांत येवंचो, वा कोयड्याचो स्पर्श बालाक जायनासतना रोवचो, वा स्पर्श जावंन - ना जावंन बाल हुरी लागींच जमनीर पडचें. ह्यो तिनूय गजाली घडल्यो तर मारपी खेळगडो बाद जाता. हुरी लागीं पडिल्ल्या बालाची सुवात हुरीपासून कोयड्याचे लांबाचे भितर आसल्यार खेळगडो बाद जाता. हांगाय ताका आनीक एक संद मेळूंक शकता. जर जिखपी खेळगडो कोयडो आनी बाल आपल्या दोनय हाताच्या परतून धरिल्ल्या चपक्यांतल्यान एकाच वांगडा सोडून, सट करून दोनय वस्तू एकाच हाताच्या चपक्यांत धरूंक शकलो ना तर मारपी खेळगड्याक आनीक एक संद मेळटा. जिखपी खेळगडो मारपी खेळगड्याकडेन बाल शेवटीत ताका 'आल्लो' दिवप म्हणटा.

जो पंगड जिखता त्या पंगडांतल्यो दर एक खेळगडो कोयंड्यान बाल वावडून जाता तितक्या पयस शेवटिता आनी हरिल्ल्या पंगडांतलो दर एक खेळगडो सांखळ पद्दतीन ते बाल वंगडी घालून वा 'ई' हो स्वर ना तोडटां, तोंडान घोळोवन बाल हुरीवटेन हाडटा. पयले खेप हारिल्ले खेळगडे बाल हुरीकडेन हाडूंक पावले ना, तर ताचे फुडली ख्यास्त म्हणजे हाताच्या कोपरान धुकलीत धुकलीत बाल हुरीकडेन हाडचें पडटा. बाल हुरीकडेन पावसर ही खास्तिची क्रिया चलता.

क्रिकेट ह्या आधुनीक खेळाचें आनी कोयडो बाल खेळाचें खुपूच लागशेंपण दिसता. दोन खेळांनी बऱ्योच गजाली एकसारक्यो पळोवंक मेळटा. कोयंडो (कोयंडो-बाल) आनी बॅट (क्रिकेट) हांचें दोगाचेंय काम दुसरी वस्त वावुडपाचें आसा. बाल आनी बॉल दोनय वस्तू दुसरे व्हडले वस्तून शेवटप जाता. क्रिकेटींत विकेटींक बॉलाचो स्पर्श जालोतर बॅट वावुडपी बाद जाता. कोयंडे - बाल खेळांत विरोधी खेळगड्यान उडयल्ल्या बालाचो कोयंड्याक स्पर्श जालो तर खेळपी खेळगडो बाद जाता. क्रिकेटींत बॅटान शेवटिल्लो बॉल विरोधी खेळगड्यान वयले वयर जिखून घेतलो तर खेळगडी बाद जाता. कोयंडे बालांत खेळप्यान कोयंड्यान शेवटिल्लें बाल विरोधी खेळगड्यान वयलेवयर जिखून घेतलें तर खेळगडो बाद जाता. क्रिकेटींत शेवटिल्लो बॉल जितक्या अंतराचेर पडटा त्या अंतराप्रमाण खेळप्याक गूण (रन) मेळटा. कोयंडे बालांतय हूर आनी बाल पडिल्ले सुवाते मदल्या अंतर, प्रमाण गूण मेजतात. क्रिकेटींत तशें एका पंगडाचो एकच खेळगडो एका वेळार खेळटा आनी विरोधी पंगडांतले सगळे खेळगडे ताका बाद करूंक मैदानार रावता (फिल्डींग) तशें कोयंडेबाल खेळांतय आसा. हेर गांवठी खेळांप्रमाण कोयंडोबाल खेळप आतां फाटीं पडला. पयलीं वाड्यावाड्यार व्हड उमेदीन खेळप जातालो तो कोयंडेबालाचो खेळ नवे पिळगेक अपरिचीत जावंक लागला. अदीं मदीं कांय संस्था पारंपारीक खेळांच्यो सर्ती घेता तेन्ना कोयंडोबाल खेळप जाता.

- सं.

- एन्. सुहास

**कोरगांवकर, दत्ता : पळयात → के. दत्ता**

**कोरगांवकर, विठ्ठलराव :** (जल्म - 1884, मुंबय, मरण - 31 डिसेंबर, 1974, बेळगांव)

नामनेचो पेटी वादक. कोरगांव हो ताचो मूळ गांव. तो ल्हान आसतना ताचो आवय-बापूय मेल्ल्यान कुटुंबाची जबाबदारी ताचेर पडली. कुटुंबाच्या उदरनिर्वाहाखातीर तो मुंबय गेलो आनी पिरायेच्या धाव्या वर्सा ताणें पाटणकर संगीत मंडळींत प्रवेश केलो. थंय ताणें भगवत हाचेकडेन पेटयेचे मुळावे धडे घेतले. थंयच ताणें गावपाचो आनी पेटी वाजोवपाचो अभ्यास सुरू केलो. फुडें 1905 मेरेन भाचू भाई भांडारे हाचेकडेन पेटयेचें फुडलें शिक्षण घेतलें.

1905 त, ताणें हुबळीक स्वताचो वेवसाय सुरू केलो. ताचो उद्योगधंदो जरी वाडत आशिल्लो तरी ताचें संगीत साधनेंत खंड पडलो ना. तो दिसाक स वरां रिजाय करतालो. अब्दुल करीम खाँ, वझेबुवा, सवाईगंधर्व, सौ. हिराबाई बडोदेकर, मास्टर कृष्णराव अशे कितलेशेच नामनेचे कलाकार मुक्कामाक हुबळी हांगा तागेर रावताले. 1906 ते 1928 मेरेन ताका खाँ साहेब हाची तालीम मेळ्ळी. शास्त्रीय संगिताचीं म्हत्वाचीं आंगां, किरणा घराण्याचें सुक्ष्म गिन्यान, शास्त्र विचार, स्वर विलास आनी सौंदर्य दर्शन हाचें मार्गदर्शन ताका खाँ साहेबाकडल्यान मेळ्ळें. तेभायर पं. रामनाथ बुवा वझे हाचेकडल्यानूच ताका मार्गदर्शन मेळत आशिल्लें. तशेंच अल्लादिया खाँ साहेब, पं. बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर, आग्रा घराण्याचे गायक, गोरजान - मलकाजान सारक्या म्हान गायकांचे कलात्मकतेचो परिणाम ताचे संगीत साधनेचेर जालो. पूण 1935 त ताच्या धंद्यांत खोट आयली आनी ताका हुबळीचो वेवसाय सोडून मुंबय येवचें पडलें. थंय ताणें 'रुक्मिणी संगीत विद्यालय सुरू केलें. चार वर्सां उपरांत झुजा परिस्थितीक लागून, हेरांप्रमाण विठ्ठलरावाकूय मुंबय सोडची पडली. उपरांत तो बेळगांवां स्थायीक जालो आनी थंय ताणें विद्यालय सुरू केलें. आनंदाखातीर कमायिल्ली संगीत विद्या ताका चरितार्थांखातीर वापरची पडली.

गुरू खाँ साहेब अब्दुल करीम खाँ आनी बालगंधर्व हीं ताचीं दोन संगितीक दैवतां. ताणें ह्यां दोनूय कलाकारांची कला, स्वताच्या अप्रतीम पेटी वाजोवपांत हाडपाचो चडांत चड यत्न केलो. विठ्ठलरावाच्या कलात्मक यशाचें हेंच मुखेल सूत्र आशिल्लें. 'हिज मास्टर्स व्हॉइस' हे कंपनीन काडिल्ल्यो विठ्ठलरावाच्यो णव रिकोर्डी खूब लोकप्रीय जाल्यो.

ताणें पेटी वाजोवपांत आपलो स्वताचो खाशेलो ढंग तयार केल्लो. आलाप आंगांत किरणा गायकेचो सुरेलपण, क्रम, संयम आनी स्वरविस्तारांतलें अतूटपण हाचेर ताची बारीक नदर आसताली. तान पलट्यांत जयपूर गायकेचो ढंग, वादनाक सोबता अशें लयकारीचें काम अशा कलात्मकतेन तो रागदारी पेश करतालो. सोबीत कल्पनाविलास हें ताच्या वाजोवपाचें खाशेलेंपण आशिल्लें.

ताचे जायते शिश्य बेळगांव, मुंबय आनी पुणे ह्या शारांतल्यान नामनेचे गायक - वादक आनी शिक्षक संगिताच्या मळार वावर करतात. अल्लादिया खाँ साहेबासारक्या गायनसम्राटान भांगरा पदक दिवन ताचे वादन कलेचो भोवमान केलो. गानमहर्षी बाळकृष्णबुवा इचलकरंजीकर हाणें आनी 1900 त म्हैसूर अकादमीन ॲवॉर्ड दिवन ताचो भोवमान केलो.

- **सं. मं.**

**कोर्नो: पळयात → कणेर**

**कॉर्पोरेशन ब्यँक :** पब्लीक सेक्टर बँकिंगांतल्या उद्योगांतली एक नामनेची बँक.

खान बाहूदर हाजी अब्दुल्ला हाजी कासीम साहेब बहादूर हाच्या मुखेलपणाखाला 1906 त उडुपी गांवांत (कर्नाटक) हे बँकेच्या कामकाजाची सुरवात जाली. दि केनरा ब्यँकींग कॉर्पोरेशन (उडुपी) लिमिटेड हें हे संस्थेचें सुर्वेचें नांव आसलें. फुडाराक 1939 त केनरा ब्यँकींग कॉर्पोरेशन लिमिटेड अशें तिचें नामांतर जालें. हे ब्यँकेची पयली शाखा 1923 त कुंदापुरांत (कर्नाटक) उक्ती जाली. दुसरी मंगळुरा 1926 त उक्ती जाली. 1954 त तिका प्रादेशीक दर्जोप्राप्त जालो आनी तेन्ना हे बँकेच्यो 28



मुखेल कार्यालय

शाखा आशिल्ल्यो. 1961 त ब्यँक ऑफ सिटिजन, बेळगांव हे बँकेचें कोर्पोरेशन बँकेंत विलिनीकरण जालें.

1972 त पर्थून एकदां बँकेचें आदलें नांव बदलून कॉर्पोरेशन ब्यँक लिमिटेड हें नवें नांव हे बँकेन धारण केलें. 1980 त हेर पांच खाजगी सेक्टर ब्यँकांवांगडा हे ब्यँकेचें राष्ट्रीयकरण जालें. उप्रांत हे ब्यँकोचो सेवा तशें दुडवां वेव्हार हातूंत व्हड विस्तार जायत गेलो. स्थापन जाल्ली तेन्ना फकत पांच हजार रुपया ठेवीचेर आनी एकेच शाखेन सुरू केल्ले हे ब्यँकेचें आयचे घडयेचें भांडवल कोटिचे आनी शाखा भारतभर आनी विदेशांत आसात.




12 मार्च 2006 त हे ब्यँकेन आपलो शतक महोत्सव केलो आनी शतक महोत्सवी वर्साच्यो म्हणून कांय कार्यावळी आनी येवजणी आंखल्यो. तातूंत मंगळुरा एक आधुनीक सार्वजनीक वाचपघर, आनी वेगवेगळ्या ल्हान ल्हान गांवांनी 25 वाचप घरां सुरू केल्यां.

हे ब्यँकेच्या ब्यँकींग वेवसायांतले उत्तम कामगिरीखातीर तिका जायते पुरस्कार प्राप्त जाल्यात ते अशे 1) नॅशनल ॲवर्ड फॉर असीस्टन्स टू एक्स्पोर्टर्स 2) जेम ॲण्ड ज्युवेलरी एक्सपोर्ट प्रमोशन कौंसील ॲवर्ड, (1981 सांवन 1985 मेरेन) 3) शिरोमणी ॲवर्ड फॉर ब्यँकींग 4) बेस्ट ब्यँक ॲवर्ड फॉर एक्सन्स इन ब्यँकींग 5) इन्नोवेटीव युसेज ॲंड ॲप्लीकेशन ऑन इंडियन फायनान्सीयल नेटवर्क 6) इंडियास बेस्ट बँक म्हणून 'बिजनेस टुडे' ऑन लुकर हांची प्रशस्ती मेळ्ळ्या.

**- डॉ. गीता शेणै**

**कोल :** दक्षीण कन्नड जिल्लो आनी उडुपी हांगची एक जानपदीय आचरण पद्दत. हातूंत भूत-पिशाच्च वा नाग-नागीणिचो भेस परिधान करून, जाचो भेस केला ताका आपल्या आंगांत संचार करपाचे आवाहन करप जाता. अशें आवाहन करतकीर, संबंधीत भूत वा नाग-नागीण, बैलसारखे प्राणी आंगांत संचारता अशें समजून, आंगांत संचार जाल्लो मनीस, त्या त्या अवसाराच्या रुपान, लोकांमुखार (भक्तांमुखार) येता. लोकांची गाराणीं आयकता. तांकां तांचें प्रस्न सुटावे जावपाचें आश्वासन दिता. धंदो - वेव्हार, भलायकी, भुरगीं-बाळां सारख्या प्रस्नावांगडा, गांवांतल्या न्याय - नितीचोय हांगा विचार जाता.

ही एक प्राचीन सांप्रदायीक उपासना - पद्दत आसा. हे उपासनेंत आपल्या देवाची (मनीस आनी प्राणीरूपी) आराधना करतात. जानपदी रितीप्रमाण, ह्या धार्मीक विधींत संगीत, नाच, वादन, नाटक आनी मनोरंजनाचो आस्पाव जाता. हे विधीक उत्सवाचें रूप आसून हांगा प्रेक्षकय उपस्थीत रखता. जात-धर्म विरयत आनी सामाजीक, आर्थीक भेद-भाव सोडून, सगळ्या थरांतले लोक ह्या उत्सवी विधीक हजेरी लावन सामाजीक एकचाराचें दर्शन घडयता.

कोलाचे अनेक प्रकार आसात. भूतकोल, नागनकोल, सर्पकोल, स्वामीकोल, एरूकोल हे तातुंतले मुखेल आसात. हातुंतली भूतकोल ही सुमार 8-10 वरां चलपी दीर्घ अशी आचरण पद्दत आसा. थळाव्या ब्राह्मणेत्तर वर्गाचो नागरुपी स्वामी हो एक आर्येतर देव आसा. करावळीचे नाडव वर्ग नागाक भुमीपूत मानून नाग

स्वामीक भजता. हांचे स्वामी नागन कोल करता. हें आचरण फकत उडुपी जिल्ल्यांतल्या कुंदापूर आनी उडुपी वाठारांत पळोवंक मेळटा. नाग कोलांत वांटो घेवप्यांक नल्के म्हणून वळखतात. नागन कोलांतलो अवसरी अर्धनारीश्वराचो भेस करून; नागाची स्तुती करीत नागमंडलाक प्रदक्षणां घालता. आनीक एकलो धवें लुगट न्हेसून, माथ्यार नागाच्या फण्याचें रुपडें घालून नागपात्रासारखो समाजाचें नाद ब्रह्म हें कुलदैवत आसा. हो समाज वर्साक एक फावट सर्पकोल मनयता. सर्प सुतु, (सर्पुली - Herpis) कोष्ट सारख्या पिडांपासून रक्षण आनी सतत-भाग्य मेळचे म्हण हो समाज सर्पकोलाचें आचरण करता. एरुकोल हो प्राणीसंबंधीत नाच-विधी आदल्या काळांत, दक्षीण कन्नडांत प्रचलीत आशिल्लो. हो विधी आतां उणो जालां. पिकाची फसल कातरतकीर सामान्यपणान डिसेंबर म्हयन्यांत हो विधी करतात. कांयकडेन मरणाचे उत्तर क्रिये संदर्भात हाचें आचरण करपाचो रिवाज आसा. कंबळ खेळांतय एरुकोल करपाची पद्दत आसा. हातूंत कोल करपी बैलाचें रुपडें घालून, बैलावरीं वर्तन करून दाखयता. हें एक कृषीसंबंधी आचरण आसा.

हेर जानपदीय रिवाजाप्रमाण, कोल ह्या रिवाजांतय असदृश्य आनी अलौकीक शक्तींक होरावन, आपणाक आपत्तीपासून रक्षण मेळचें, आनी जिवन समृद्धी प्राप्त जावंची, हो आदल्या काळांतलो विचार - भावार्थ दिसता.

**- डॉ. गीता शणै**

**पुरक नोंद : 1) अवसर, 2) कौल.**

**कोल्लम :** केरळ राज्यांतलो म्हत्त्वाचो आनी सोबीत प्रदेश तशें एक बंदर आसा. आदल्या काळांतलें तें एक व्हड वेपार - केंद्र आसलें. ताचें सोबितकायेक लागून, ताच्या नांवान एक मल्ल्याळम भाशेंत म्हण तयार जाल्या ती अशी : ''कोल्लम कण्डवनिल्लम वेण्डा'' हाचो अर्थ : जो कोण कोल्लम वता ताका घर नाका जाता. म्हणजेच हो प्रदेश सर्गासारखो सोबीत आशिल्ल्यान हांगा पाविल्लो मनीस आपल्या घराक विसरता. कोल्लम जिल्ल्यांत पत्तानापुरम, कुन्नतूर, केट्टारक्करा, करूनागप्पलल्ली आनी कोल्लम अशें पांच तालुके आस्पावतात. कोल्लम प्रदेशाचो आदल्या काळांत जायत्या विदेशी लोकांचो संबंध आयिल्लो आनी ते ह्या प्रदेशाक 'कनलं (इबन बतुता), कोळ्योणम' (निकोला कोण्डी), 'कोल्लम' (बरबोस) 'कोयलम', 'कोवलांग' अशे म्हणटाले. आदल्या काळांत ह्या प्रदेशाक 'नेलसिंडा', 'दे शिंगनाड' अशींय नावां आसलीं. आदल्या काळांत ह्या प्रदेशाची एदी नामना जाल्ली की मल्याळमांत 'कोल्लमवर्षम' म्हणून ताच्या नांवान एक वर्स सुरू जाल्लें. चीन, पुर्तुगीज देशांचो ह्या प्रदेशाकडेन वेपारी संबंध आसलो. हांगच्या 'चीनक्कडा' ह्या वाठाराक चीनाचे नांव मेळलां तें आदलो चिनाचो संबंध दाखयता. तंगश्शेरी वाठारांत पुर्तुगिज लोकांचो वेपार 1502 पासून सुरू आसलो. ह्या वाठारांत पुर्तुगिजांनी बांदिल्लीं घरां, इगर्जी हांचे अवशेश दिसता. हांगची इन्फंट जीजस चर्च ही पुर्तुगिजांनी बांदिल्ली चर्च आसा.

कोल्लम प्रदेश हें केरळांतले एक म्हत्त्वाचें पर्यटन केंद्र आसा. हांगा तंकशेशरिचो दीपस्तंभ, करीप्पुषा राजवाडो, पुतु क्कुळङरा राजवाडो, तेवळ्ळी राज महाल, तिरू मुल्लवारम् राज महाल, चवरा, पन्मना, परवूर हांगचे राजवाडे, पळोवपासारखे आसात. तेभायर जटायुप्पारा, पालरुव, शास्तांकोट्टा हीं इतिहासीक थळां आसात. अष्टमुडी वेळ, कोल्लम वेळ आनी पापनाशम म्हण प्रसद्ध आशिल्ली वर्कला वेळ ह्यो पर्यटनाचे नदरेन म्हत्वाचो आसात.

कोल्लम प्रदेशांत अनेक देवळां आसात. हांगचीं रामेश्वर, गणपती, आनन्दवळ्ळीश्वर, देवळां प्रसद्ध आसात. तेभायर अंचल अगस्त्यकोड महादेव, तृक्कडवूर महादेव, वीरभद्रस्वामी, उमयनल्लूर



दर्यादेगेवयलो एक वाठार

बालसुब्रहमण्य स्वामी, चात्तन्नूर भूतनाथ विळ्ळ पुरम भगवती, हांचींच देवळां आसात. हांगचे धार्मीक तशें सांस्कृतीक उत्सव (शिवरात्री, स्त्राटटू बी) देशी - विदेशी जनांखातीर खाशेलीं आकर्शणां आसात. कोट्टारस्करा कथकलिच्या मळार नामना जोडून आसा. कुन्नूत्तूर तालुक्यांत दुर्योधनाचेंय एक देवूळ आसा.

कोल्लम हें आदीं सांवन वेपार - केंद्र आसा आनी हांगा, काजू बियों, मिरी, दोर, हँडलूम हांचो वेपार चलता. वेपाराखातीर लागपी नव्यो बाजारपेठो बांदून वेपाराक चालना दिवपाचो बरो वावर वेलुत्तंपी दळवा हाणें केलो.

मल्याळम संस्कृतींत मोलाची भर घालपी जायत्यो व्यक्ती कोल्लम प्रदेशांतल्यो आसात. रवि वर्मा, शक्तीभद्रन, कोटटारक्करातंपुरान (साहित्य), चट्टम्पीस्वामीकल, श्रीनारायणगुरू, अषकत्तु पदमनाभ कुरूप, सी. एस्. सुब्रह्मण्यम पोट्टी (धार्मीक) शुरनाड्ड कुञ्ञन पिळ्ळा (विद्वान), इळंकुळं कुञ्ञन पिळ्ळा (इतिहासकार), टी. एम्. वर्गीस (स्वातंत्र्य सैनीक), देवराजन (सिनेमा) ह्यो कांय नावाजत्यो व्यक्ती आसात.

कोल्लम प्रदेश हें वेपार - केंद्र जाल्ल्यान, हांगा गौड सारस्वत ब्राह्मण समाज (कोंकणी) येवन रावलो. हे लोक चडकरून तंकश्शेरीच्या वाठारांत स्थायीक जाले. हांगांच लागीं तिरूमल्लवारम सुवातेर महाविष्णू देवाचें देवूळ बांदले. हांगा वेंकटपतीचेंय एक देवूळ आसा. कोंकणी समाजान कोल्लम प्रदेशांतल्या आपल्या वेपारावरवीं आपलें आनी कोल्लम प्रदेशाचेंय नांव व्हड केलें.

**- डॉ. एल्. सुनीता बाय**

**कोल्लूर मूकाम्बिका :** दक्षीण कर्नाटकांतल्या सात तीर्थक्षेत्रांमदलें एक तीर्थक्षेत्र. उडुपी सावन हें क्षेत्र 75 किलोमिटराचेर आशिल्ल्या ह्या तीर्थक्षेत्राचें क्षेत्रफळ सुमार एक किलोमीटर व्याप्तीचें आसा. ह्या क्षेत्राचें मूलस्थान कोडचाद्री पर्वताचेर आसा. ह्या पर्वतावयलें ''सर्वज्ञपीठ'' आनी ''चित्रमूल'' हीं श्री शंकराचार्यान तपस्या केल्लीं स्थानां आसात. ''चित्रमूल'' सांवन 'सौपर्णिका' न्हंय व्हांवता आनी कोल्लूर सांवन पांच किलोमिटराचेर आशिल्ल्या 'अरसित गुण्डी' 'तोग्गू' न्हंय व्हांवता.

श्री मुकाम्बिका क्षेत्र ''कोड चाद्री'' तोग्गु आसा. कृतयुगांत कोडचाद्री पर्वताक 'अम्बावत' म्हणटाले.



त्रेतायुगांत हनुमंतान संजिवनी पर्वत हाडून बेशुद्द पडिल्या लक्ष्मणाचेर उपचार केल्ले. उप्रांत ह्या पर्वताचे दोन कुडके करून उडयल्ले. ताचो एक कुडको हो कोडचाद्री पर्वत आसा. कोडचाद्री पर्वताचेर आदीशक्ती पाथैश्वर, 32 भुजी गणपती, कालभैरव, उमा महेश्वर, आदी दैवतां आसात.

मूकाम्बिका देवालय शिल्प शास्त्रोक्त आसून गर्भकुडींत पाणी पिवावृत्त सुवर्ण रेखीत लींग आसा. ज्योतीर्लिंगाचे पश्चीम भागांत देवीची पंचधातुची सोबीत मूर्त आसा. ही देवी पदमासनस्थ आसून तिच्या दोन हातांत शंख, चक्र, आनी दोन हातांनी अभय आनी वरदहस्त सुचीत जाता.

भितरल्या सुत्रांत दशभुज गणपती, शंकराचार्याची मूर्त आसा. भायल्या सुत्रांत याग शाळेक तेंकून वीरभद्रेश्वर तलीपीठ, ध्वजस्तंभ, दीपस्तंभ आसात. आग्नेय दिकेक सुब्रहमण्यम, पश्चिमेक ओकुळी पोंडू, दक्षिणेक चंडिका यागाखातिरचीं चार यज्ञकुडां आसात. तेभायर प्रणलिंगेश्वर, पार्थेश्वर, पंचमुखी गणपती, चंद्र मौळेश्वर, नंदी विग्रह, हनुमंत, विष्णू हांच्यो मुर्ती आसात.

स्कंदपुराणांत उल्लेख आयिल्ल्याप्रमाण, कोडी चाद्रींत 'कोल' नांवाचो महर्षी तप करतालो.कोल महर्षीन तप केल्ले हें क्षेत्र सिद्धक्षेत्र जाता. ताच्या तपान प्रसन्न जावंन आदीशक्त प्रगट जावन ताका जाय तें माग म्हणटा. तेन्ना कोल महर्षी मागता, की देवान हांगच्यान श्री चक्रांत आपलें सानिध्य दवरचें. त्याच समयार 'कंट्ट' नांवाचो राक्षस देवीची आराधना करून, देवीक प्रसन्न करून घेता आनी अमरत्त्वाचो वर मागून घेता. अमरत्त्व प्राप्त जातकीर तो रुशी - मुनी साधकांक छळूंक लागलो. तेन्ना कोल महर्षी देवीक शरण गेलो आनी कंट्टासुराचो संहार करपाक विनंती केली. कंट्टासुराचो संहार करपाक देवी भायर सरली तेन्ना तो भिवून ऋष्य मूक पर्वतार वचून शिवाची तपस्या करून अमरत्व प्राप्त करता. देवी जेश्ट शुद्ध अश्टमी दिसा चक्रयुद्धांत कंट्टासुराचो वध करता. ह्या राक्षसाक महालक्ष्मी वरान मोनेंपण (मुकेंपण) आयिल्लें आसता. म्हणून ताचें नांव 'मुकासूर' जाता. मुकासुराचो वध केलो म्हणून देवीक 'मूकाम्बिका' नांव पडलें. ह्या देवळाक होन्ने कंबळी राजाचो राजाश्रय मेळला आनी वेंकण्ण सावंत राजान ह्या देवळाक ताची वेवस्था चलोवपाक आर्थीक आदार केला अशें ह्या देवळाचो इतिहास सांगता.

म्हैसूर संस्थानचो संस्थानीक जयचामराजेन्द्र वडेयर हाणें 1942 सालांत, जेन्ना देवीचें दर्शन घेतलें तेन्ना देबीक चांदिचें पुजा साहित्य अर्पण केल्लें. तमिळनाडचे आदले मुखेलमंत्री ए. जी. रामचन्द्रन हाणें हे देवीक 230 ग्राम वजनाचें भांगरा खडग (तलवार) अर्पण केलां.

ह्या क्षेत्रांत कांचिकामकोटीपिठाचे श्री यजेन्द्रतीर्थ सरस्वती वेद पाळशाळा आसून थंय वेदीक अध्ययन साधना चलता. देवालयावतीन हांगा एक पदवीपूर्व विद्यालय आनी ग्रंथालय चलता

**- सिद्धापु वासुदेव भट्ट**

**कोलो :** सादारणशी मध्यम आकाराची सुण्या भशेन दिसपी मोनजात म्हळ्यार कोलो. ह्या कोल्याक लांब उबे कान, मोटवे पांय आनी नाजूक ल्हान मोंड आसता. कोल्यांची उंचाय 38-43 सेंमी, तकलेसकट शरीराची लांबाय 60-75 सेंमी, शेंपडी 20-27 सेंमी. वजन 8-11 कि. ग्रॅ. आसता. ताची शेंपडी आनी कान काळे आसतात. ताचे कातिचो रंग भरकट पुडीरंगाचो करडो (तांबसार) आसता. ताचे दोळे, कान आनी नाक हांकां संवेदनशिलता आसता. संघ (Phylum) वर्गीकरण, रज्जुमान (Chordata) उपसंघ, पृष्ठवंशी (Vertebrata) वर्गांतलो, स्तनिवर्ग (Mammals) उपवर्गांतलो, येरिया, गुथेरिया अववर्गांतलो आनी कार्निव्होरा गणांतलो आसा. कोल्याचे शास्त्रीय नांव 'कॅनिस ऑरियस' अशें आसा. इंग्लिशींत हाका 'फॉक्स' (Fox) अशें म्हणटात. Vulpes Vupelli (Sand fox di Desert fox) आनी Blan ford's fox ह्यो जाती आसात पूण त्यो भारतांत सापडनात. हे जातीच्या कोल्यांपसून दाट आनी मोलादीक फर मेळटा. ताच्या शेंपडेच्या गोंड्यांत धवे आनी काळे केंस आसतात. व्हुल्पीस (Vaulpes) आनी बेंगालेसिस (Bengal fox) ह्यो तांच्यो प्रजाती आसात. कोल्यांच्यो विंगड विंगड जाती सापडतात. तांचे प्रकार अशे आसात.

V. Corsal (Corsal fox) : ल्हान कोलो. कात हळडुवी पुडीरंगाची वा तांबडी पुडीरंगाची. हे जातिचो प्रकार पूर्व यूरेशियांत पळोवंक मेळटा.

V. Cana (Hoaly Fox) : 60 सें. मी. लांबायेची युरोपियन जात, वयल्यान कात करडी पूण सकयल्यान कात धवी.

V. Macrotis (kit fox) वा. V. Velox (Plains Kit fox) ... व्हडल्या कानांचो, करडो, हळडुवो, तपकिरी आनी धवो रंग आशिल्लो काळ्या शेंपडेचो कोलो. हे जातिचो कोलो उत्तर अमेरिकेंत पळोवंक मेळटा.

V. Pallida (Pale fox dm Desert Fox) ... हळडुव्या, पुडी रंगाचो कोलो. ही जात उत्तर आफ्रिकेंत पळोवंक मेळटा.

V. Rupelli (Rapeli's Fox) : व्हडल्या कानांचो, करड्या रंगाचो आशिल्लो हो कोलो. उत्तर आफ्रिका आनी नैऋत्य आशियेंत हे जातिच्या प्रकारांतले कोलो पळोवंक मेळटा.

V. Ferrilate (Tibetan sand fox) : ल्हान कानांचो, ल्हान शेंपडेचो हळडुवो कोलो. तिबेट आनी नेपाळच्या सुवातिंनी हे कोलो पळोवंक मेळटा.

कोंकणांत कोलो चडकरून शेतांच्या मळार वा रानांनी दिसून येता. कोलो हुंदीर, सोंशे, तांतयां , फळां, सुकणीं, कोंबयो आनी हेर मांस खातात. उंसाच्या पिकाचें कोलो बरेंच लुकसाण करतात. तो विंचू, पाली, जीव - जंतू लेगीत खाता. दर्या देगेवेल्या भागांतले कोले नुस्तीं, कुल्ल्यो खातात. कोलो खास करून एकटोच शिकारेक वता. तो निशाचर (Nocturnal) आशिल्ल्यान भक्ष्य मेळोवपाखातीर रातचो भायर सरता. गर्मी चड आसल्यार उदक पिवपाक तो दिसाचो भायर सरता. कोल्याक कसलेंय हवामान, दमट जंगलां, उक्ती मळां, वाळवंटां मानवतात. कोलो धांवपांत खूब चपळ आसतात. आनी केदेंय व्हडलें अंतर तो वराक सुमार 30 कि. मी. वेगान धांवता.



कोलो Brucellosis, Leptospirosis आनी Fularemia ह्या रोगजंतूचो प्रसार करतात. 'रॅबीज' हो भिरांकूळ रोग जाल्ल्या कोल्यापसून मनशाक धोको आसता.

'कोलो बुद्दीन भोलो' अशी एक म्हण (ओंपार) आसा आनी कितल्याशाच कथांनी, लोकांकाणयांनी, खास करून इसापनितींत कोल्याचो आस्पाव आसता. ह्या काणयांनी कोल्याची बुदवंत काय आनी शिटूकसाण दाखयल्ली आसता. Silver fox जातिच्या कोल्याची चामडी (fur) म्हूण वेपारी उत्पादनाखातीर तयार करतात. तशेंच तांबड्या-नारिंगी रंगाची मादी कोली हांचें संकरण (Cross - breeding) करून तयार केल्ली रुप्याचे काती भशेन आंग आशिल्ली Silver fox जात खूब लोकप्रीय जाल्या.

बरेच कोले एकठांय येवन केन्नाकेन्नाय तिनसांजच्यो कुयो घालतात (रडटात). असल्यो कुयो म्हळ्यार कसल्यातरी दुश्चिन्नांचो संदेश आसता असो समज आसा. मनशान लेगीत कुयो घाल्यो जाल्यार घरांत आशिल्ले जाणटे मनीस कोल्याभशेन कुयो घालिनाकात अशे म्हणटात हालिंसरां, मनशांची वसती गांवां भायर पातळूंक लागिल्ल्यान गावांचे आशी कुशीक, शेतां - रानांनी रावपी कोले आतां पयस गेल्यात. तेखातीर आदल्या काळांत तिनसांजेची आनी रातची नेमान आयकूंक येताली. ती एकोडी वा सामुदायीक कोल्याकूय आतां पयलीं सारखी आयकूंक येना

- सं. मं.

**कोश (कोंकणी) : पळयात → साहित्य कोंकणी**

**कोषिक्कोड : पळयात → कोझिकोड**

**कोसंबी, दामोदर धर्मानंद :** (जल्म : 31 जुलय 1907, सांखवाळ, गोंय; मरण : 29 जून 1966, पुणे - महाराष्ट्र)

नामनेचो गणिततज्ञ आनी प्राच्यविद्यापंडीत. संवसारीक नामना जोडपी बौद्ध धर्माचो अभ्यासक, धर्मानंद कोसंबी हाचो पूत. ताचो जल्म उच्च मध्यम वर्गीय घरांत जालो. ताचे आवयचें नाव बाळाबाई. तशेंच माणिक आनी मनोरमा हीं ताच्या भयणींची नांवां. माया आनी नीरा ह्यो ताच्यो दोन धुवो. दामोदर कोसंबी तीन-चार वर्साचो आसतना ताच्या बापायची धर्मानंदाची फर्ग्युसन कॉलेज (पुणे) हातूंत प्राध्यापक म्हणून नियुक्ती जाली. थंयच दामोदराचें तिसरें यत्तेमेरेनचें शिक्षण जालें. 1918 ह्या दिसा आपलो बापूय आनी भयण माणिक हांचेवांगडा बॉस्टन हांगा पावलो. थंय तो केंब्रिज हांगासर रावलो. सुर्वेक ताचें रिंज टॅक्निकल हायस्कुलांत शिकप जालें. नाजूक भलायकेक लागून शारिरीक कश्टाचें कामां ताका तोल्लें ना. त्यावेळार प्रिन्सिपॉल जे. एच्. वुडस हाच्या सल्ल्यान बापायन ताका हार्वर्ड ग्रामर स्कुलांत घालो. ह्या हायस्कुलांत मुळाव्या शिक्षणावांगडाच 4 वर्सांचें हायस्कुलाचें शिकप दिताले. 1924 त दामोदर केंब्रिज (बॉस्टन) हायस्कुलांतल्यान निमणी परीक्षा पयल्या वर्गांत पास जालो. तेखातीर हार्वर्ड विद्यापिठांत प्रवेशाखातीर ताची वेंचणूक जाली, तशेंच उंचेल्या शिक्षणाखातीर शिश्यवृत्तीय मेळ्ळी पूण घरच्या यादीन तो गांवघरा आयलो. भारतांतल्या महाविद्यालयांत ताका प्रवेश मेळूंक अपेस आयलें. हाका लागून ताचें एक वर्स फुकट गेलें. 1926 त धर्मानंदान अमेरिका भोंवडेवेळार दामोदराक हार्वर्ड कॉलेजींत प्रवेश मेळोवन दिलो. 1929 वर्सा गणित, इतिहास आनी भाशा या विषयांत पदवीधर जावन भारतांत पावलो. दामोदर हो मूळ गणित विशयाचो विद्यार्थी आसलो. 1932 च्या काळांत दामोदरान बनारस, अलीगढ हांगा कांय वर्सां अध्यापकाची नोकरी करून पुण्याच्या फर्ग्युसन महाविद्यालयांत गणिताचो अध्यापक म्हण वावर केलो. 1932 - 1946 मेरेन सुमार 14 वर्सां ताणें हे विद्यादानाचें काम केलें.

1946 त, मुंबय हांगा नाविक बंडाळेच्या वेळार, ब्रिटीश सैनिकांनी नागरिकांच्यो हत्या ज्या गुळयांनी केल्यो, त्यो गुळयो डमडम गुळयां परस घातकी आसात,

ई ताणें सप्रमाण दाखोवन दिलें. ताच्या ह्या संशोधनाक लागून ब्रिटीश सरकाराचीं काळीं कर्तुपां उक्ताडार आयलीं.

1946 त 'टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च' ह्या मुंबयच्या मुलभूत संशोधन केंद्रांत ताची गणीत विभागांत मुखेली म्हण नेमणूक जाली. शिकागो विद्यापीठ आनी चीन हांगाच्या संस्थानी ताची 'व्हिजिटींग प्रोफेसर' म्हण नेमणूक केली. ह्याच काळांत ताणें 'जीवशास्त्र, मानवजातिशास्त्र, उत्खनशास्त्र आनी प्राच्यविद्या या विशयांत संशोधन केलें. 1948-49 त अमेरिकेंत आनी 1949 त इंग्लंडांत ताणें अभिछात्र म्हण काम केलें.




ताणें गणिता वांडाच नाणकशास्त्र, पुरातत्त्वविद्या, इतिहास, संख्याशास्त्र, आनुवंशिकता अशा कितल्याशाच विशयांचो अभ्यास केला. ताचें इंग्लीश वांगडा फ्रेंच, रशियन, इटालियन, संस्कृत, पाली भाशेचेर प्रभुत्व आसलें. टाटा इन्स्टिट्युटांतल्यान निवृत्त जातगीर कौन्सील ऑफ सायंटिफिक अँड इंडस्ट्रीयल रिसर्च अँड सायंटिस्ट एमेरिटस' (Council of Scientific And Industrial Research and Scientist Ameritus) हातूंत एक वांगडी म्हण ताका-वेंचलो. ताणें 'अणुऊर्जे'चो शांततेखातीर कसो उपेग करूं येता' ह्या विशयाचेर 'सोव्हीएट अॅकॅडमी ऑफ सायन्सेस' (रशिय) हांगा व्याख्यान दिल्लें. आईन्स्टाईन आनी वेब्लेन ह्या म्हान शास्त्रज्ञां वांगडा शास्त्रीय विशयांचेर भासाभास करपाची संदूय ताका मेळ्ळी.

आयज `Path Geometry' ह्या विशयावेल्या ताच्या संशोधनाक संवसारांत मान्यताय मेळ्ळ्या. आर्विल्ल्या सुप्रजालिनशास्त्रांत ताणें 'समीकरणां' ही मोलाची भर घाल्या. अणुविशिंच्या संशोधनांत गणिताचो पालव घेवन आदार करपांत ताचो वांटो म्हत्वाचो आसा. विद्युत् परिगणना यंत्राच्या आदारान युनेस्कोचे वतीन संशोधनाचें कार्य ताणें ह्या काळांत केलें. आनुवंशिकींतल्या गुणसुत्रांमदलें अंतराचे म्हत्व ताणें बारिकसाणेन सांगलां. नाणकशास्त्र हें शास्त्र आसा, हें ताणें असंख्य नाण्यांच्या अभ्यासावेल्यान सिद्ध करपाचो यत्न केलो. कार्लेहांगा ब्राह्मी लिपिचो सोद तशेंच पुर्वाश्म संस्कृतायेचे जायते अवशेश आनी तेविशिंचीं तार्कीक अनुमानां, हातुंतल्यान ताच्या पुरातत्वविद्या विशयांवेल्या सखोल अभ्यासाची कल्पना येता.

संस्कृत भास आनी ताच्या इतिहासाचेय ताका गिन्यान आसलें. मार्क्सवादी पद्धतीन भारताच्या इतिहासाचो अभ्यास करप्यांमदीं दामोदराची स्वतंत्र अशी सुवात आसा. भतृहरीचो 'शतक' तशेंच विद्याकराचो 'सुभाषितरत्नकोष' ह्या ग्रंथांचें ताणें संपादन केलें. अमर कोशांतल्या उतरांची फोडणिशी ताणें समाजशास्त्रीय पद्धतीन केल्या. तशेंच ब्राह्मणाच्या गोत्रांविशी ताणें संशोधनपर लिखाण केलां. आपल्या निमाण्या दिसांनीं, तो कौटिल्याच्या अर्थशास्त्र ह्या पुस्तकाचो अणकार करतालो. आंतरराष्ट्रीय शास्त्रीय नेमाळ्यांतल्यान ताचे 200 परस चड प्रबंध उजवाडाक आयल्यात. गणित शास्त्रांतल्या मौलिक प्रबंधाचो हो भारतापुरतो तरी उच्चांक जावन आसा. 'इंट्रोडक्शन टू द स्टडी ऑफ इंडियन हिस्टरी' (1956), 'एन्शंट इंडिया' (1965) आनी 'मिथ अँड रीअॅलिटी' हे ताचें ग्रंथ महत्वाचे आसात.

रशिया, अमेरिका सारक्या देशांत ताचें व्हड भोवमान जाले. ताका गणितांतलो 'रामनुजम् यादस्तीक पुरस्कार'

(1934) आनी 'भाभा पुरस्कार' (1947) फाव जाले.

कोसंबीचें खासगी जीवन सादें आसलें. ताणें संशोधनांतल्यान एक गणिती सिद्धांत मांडिल्लो. ताका 'कोसंबी थिअरम इन जेनेटिक्स' अशें म्हणटात.

ताचे विद्वत्तेक संवसारभर नामना मेळून संवसारांतल्या उंचेल्या पांवड्यावेल्या संस्थांनी ताचे विचार आयकुपाक ताका आमंत्रीत केलो. तेखातीर ताणें इंग्लंड, रशिया, रोमानिया, पूर्व युरोप, अमेरिका चीन आदी देशांचो दौरो केलो. ताचें यादस्तीक म्हणून गोंय सरकार, दर वर्सा विचार महोत्सव आयोजित करता. ह्या विचार महोत्सवांत नामनेचे विचारवंत आपले विचार मांडटात.

**-सं. म.**

**कोसंबी, धर्मानंद दामोदर :** (जल्म : 9 ऑक्टोबर 1876, सांकवाळ, गोंय; मरण : 4 जून 1947, सेवाग्राम वर्धा, महाराष्ट्र)

बौद्ध धर्माचो बारिकसाणेन अभ्यास करून संवसारीक कीर्त जोडपी एक म्हान गोंयकार पंडीत.

कोसंबी हाच्या बापायचें नांव दामोदर आनी आवयचें आनंदीबाय. तशेंच आज्याचें नांव रामचंद्र कोसंबी आनी आज्जेचें सीताबाय. ती मडगांवच्या नाईक शंखवाळकार घराण्यांतली आसली. ताका एक भाव आनी पांच भयणी आसल्यो. भावंडांमदीं तो सगळ्यांत ल्हान आसलो.

धर्मानंदाचो जेन्ना जल्म जालो तेन्ना ताची आवय वायटकार आसली. देखून ताका नांव दवरपाचे भानगडींत कोणूच पडलो ना. ताका भायलें दूद दिवचे पडटालें. फुडें दूद दिवप म्हळ्यारच 'धर्म' असो अर्थ करून ताका धर्माचो (दानाचो) अशे म्हणपाक लागले. फुडें हेंच नांव 'धर्मानंद' अशें जालें.

भुरगेपणांत धर्मानंद खूब अशक्त आनी दुबळो आसलो. ताका मंदबुद्धिचो म्हण वळखताले. 8-9 वर्सांचो जायमेरेन ताका धड खावपा जेवपाक लेगीत कळनासलें.

1891 वर्सा जून म्हयन्यांत तो बाळाबाय लाड हिचेकडेन लग्न जालो. 1907 वर्सा तांकां चलो जालो. ताचें नांव दामोदर दवरलें. दामोदरान प्राच्यविद्यापंडीत आनी गणितज्ञ म्हूण मुखार नांव मेळयलें. चलयांची नांवां 'माणिक' आनी 'मनोरमा' आसलीं.

धर्मानंदाच्या बापायक आपल्या पुताच्या शिक्षणाविशीं खूब आस्था आसली. सुर्वेक घरांत, माती सारयल्ले पाटयेर तो अक्षरां शिकलो. फुडें ताका मडगांव आनी चिखली हांगा भयणीच्या घरा शिकपाक दवरलो. 1988 वर्सा, शहापूर - बेळगांवांत भयणीगेर यत्ता दुसरेखातीर, मराठी सरकारी शाळेंत तांचें नांव घालें. थंय ताची हुशारकाय नदरेंत भरताली. तालीम सोडून हेर सगळ्या विशयांनी ताचो क्रमांक पयलो आसतालो. तेखातीर ताका एकदम मराठी 5 वें यत्तेंत बसयलो. थंयूय ताचो पयलो क्रमांक चुकलोना. पूण थंय भलायकी बरी ना उरिल्ल्यान तो गोंयांत आयलो.

1899 वर्सा तो मंगळुरा गेलो. 1900 वर्सा पुण्याक संस्कृताचें शिक्षण घेतलें. त्याच वर्सा ऑक्टोबर म्हयन्यांत ताणें काशी वचून 1 वर्स 4 म्हयने अभ्यास केलो. तशेंच कोलंबो हांगा श्री सुमंगलचार्याक गुरू मानून ताणें पाली भाशेचो अभ्यास करून त्याच कठीण अशा पाली ग्रंथांचे मर्म ताणें समजून घेतलें. तशेंच ताणें संस्कृत, इंग्लीश भासांचे गिन्यान जोंडलें.

15 ऑगस्ट 1906 सांवन कलकत्ता शारांत धर्मानंदान आपल्या गिन्यानाच्या प्रसाराची बुन्याद घाली. सुर्वेक नॅशनल कॉलेजींत आनी उपरांत कलकत्ता विद्यापिठांत ताणें पाली भाशेचो प्राध्यापक म्हण वावर केलो. आनी त्याच शारांत सत्येंद्रनाथ टागोर, मनमोहन घोष हांचेकडेन वळख जाली. 1910 त मुंबय हांगा डॉ. वूडस् हाका ताणें पाली भास शिकयली. आनी 1912 त तो फर्ग्युसन कॉलेजीत पाली भाशेचो प्राध्यापक जालो. हार्वर्ड विद्यापिठांत प्रा. जे. एच. वूड्स हाच्या आपोवण्यावेल्यान 4 फावट तो अमेरिकेक वचून ताणें बुद्ध घोषाच्या 'विसुद्धी मग्ग' ह्या पाली ग्रंथाचें संपादन केलें. 1922 त नोव्हेंबर म्हयन्यांसांवन ताणें 3 वर्सां

गुजरात विद्यापिठांत पाली भाशेचो प्राध्यापक म्हण काम केलें. आनी उरिल्ल्या काळांत ताणें संशोधनूय केलें. 1929-30 वर्सा लेनिनग्राड (रशिया) हांगा बौद्ध संस्कृतायेच्या अभ्यासाखातीर एक संस्थेची थापणूक केली आनी पाली भाशेचें अध्यापनय केलें.

गांधीजीकडेन ताची वळख आचार्य कृपलानी हाका लागून जाली. काकासाहेब कालेलकराकडेन ताची दाट इश्टागत आसली. धर्मानंदाक भारतीय राजकी घडणुकांविशीं जबर आस्था आसली. अमेरिकेंत आसतना लेगीत भारतीय सुटके चळवळिचेर तो नदर दवरून आसलो. गांधीच्या सत्य आनी अहिंसा ह्या दोन तत्वांमदीं ताकां बुद्धाची शिकवण दिश्टी पडिल्ली. दरेक काँग्रेसीच्या अधिवेशनाक हाजीर रावतालो तशेंच गांधीजीच्या 'दांडीयात्रा' ह्या बेकायदा मीठ तयार करपाआड सत्याग्रहाक लागून तो खूब प्रभावीत जाल्लो. 14 मे 1930 दिसा ताणें रत्नागिरींत शिरोडा हांगा सत्याग्रह केलो तेन्ना ताका कांय वेळा पुरतो पुलिसांनी धरलो. ताचे उपरांत, विलेपार्लेच्या छावणींत कांय काळ रावन तो तरणाट्या स्वयंसेवकांखातीर एक वर्ग चलयतालो. कामगारांमदीं सत्याग्रह करपाखातीर जागृताय निर्मुपाचो ताणें यत्न केलो. परळ वाठारांत शिबिरां उक्तीं करून आपल्या वावराकूय ताणें सुरवात केली. 10 ऑक्टोबर 1930 दिसा धर्मानंदाक बंदखणींत उडयलो. फुडें ह्या खटल्यांत तो दोशमुक्त थारलो.



बौद्ध धर्म आनी तत्वगिन्यानाचो प्रसार करचेपासत ताणें 'आनंदविहार' आनी 'बहुजनविहार' ह्या संस्थांची मुंबयत थापणूक केली. 'विसुद्धिमग्ग' हो महत्वाचो ग्रंथ ताणें पयलीं रोमन लिपींत 1927 त तयार केलो. 1940 वर्सा हो ग्रंथ देवनागरींत उजवाडाक आयिल्लो. 'अभिधम्मट्ठ संग्रह' वेली 'नवनीत टीका' (1941) आनी 'विसुद्धिमग्गावेली' 'विसुद्धिमग्ग - दिपिका' (1943) हे ताचे विवरण ग्रंथ विद्वतापूर्ण आसात. 'बुद्धलीलासारसंग्रह' (1914), 'बुद्ध धर्म आनी संघ' (1924), 'निवेदन' (आत्मचरित्रपर - 1924), 'समाधिमार्ग' (1925), 'बौद्ध संघाचा परिचय' (1926), 'भगवान बुद्ध' (1934), 'बोधिसत्त्व' (1949), 'सुत्तनिपाताचें मराठी भाषांतर' (नेमाळ्यांतल्यान 1937 आनी ग्रंथरुपांत 1955), 'पार्श्वनाथाचा चातुर्याम धर्म' (1949), हे ताचे मराठी ग्रंथ उल्लेख करपासारके आसात.

गांधीजीच्या सेवाग्रामांतल्या आश्रमांत ताका मरण आयलें. बाकीबाब बोरकार हाणें ताच्या 'भगवान बुद्ध' ग्रंथाचो कोंकणींत अणकार केला.

धर्मानंद बौद्ध धर्माचो अभ्यास आनी हेर गिन्यान जोडपाखातीर पुणे, ग्वाल्हेर, काशी, नेपाळ, श्रीलंका, ब्रह्मदेश आनी हेर विदेशांत भोंवलो. आपल्या देश-विदेशांतल्या भोंवड्यांनी ताणें बुद्धाविशिंचे गिन्यान एकठांय केलें, आनी बुद्ध धर्माचो प्रसार केलो

**- सं. मं.**

**कोळंबकार, शीला :** (जल्म 11 मार्च 1949 - पणजी - गोंय). शीला कोळंबकार हिचें लग्रा आदलें नांव शीला मर्तोनायक.

तिचें मुळावें तशेंच एस. एस. सी. (तेन्राची इकरावी) मेरेनचें शिकप मराठींतल्यान पणजेचे कन्याशाळेंत जालें. उपरांतचें पदवीमेरेनचें शिकप इंग्लिशिंतल्यान पणजेच्या

धेंपे महाविद्यालयांतल्यान जालें. ती मुंबय विद्यापिठाची बी. ए. (ऑनर्स) आनी गोमंतक राष्ट्रभाषा, हिंदी सभेची ती हिंदी पंडीत (1968) आसा.

तिणें मराठी आनी हिंदी विशयांचें हायस्कुलांत अध्यापन केलां. सेंट लॉरेन्स हायस्कूल (आगशी - गोंय) 1966-1969 आनी सान्ताक्रूज हायस्कूल, (सान्ताक्रूज - गोंय) 1969-1972 अशीं सात वर्सां तिणें शिक्षिकेचें काम केलां. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ, महाराष्ट्र (2003-2007) ची वांगडी म्हणून तिणें आपलें योगदान दिलां. 'मुंबय' आकाशवाणीवेल्यान नेमान साहित्य प्रसारीत केलां. 'पणजी' आकाशवाणीवेल्यान कथा, नाटकुलीं प्रसारीत. 2008 त गोंय दूरदर्शनावयल्यान तिचें कथेचेर टेलीफिल्म जावन तें प्रसारीत जालां. तेलगू, मराठी, हिंदी, बंगाली, इंग्लीश, पुर्तुगीज आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान तिच्यो कथा अणकारीत जावन उजवाडाक आयल्यात. तिच्या कथांचो शालेय पाठ्यपुस्तकांत आस्पाव जाला. तिचीं आयजमेरेन स पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. 'ओली सांज' (कथासंग्रह) - जाग प्रकाशन 1973, 'भुंयचाफीं' (कथासंग्रह) - जाग प्रकाशन 1974, 'तेजस आनी ओजस' (बालसाहित्य) राजहंस वितरण 1996/1998, 'पंकज' (बालसाहित्य) - भूमी प्रकाशन 2005, 'कथाशील' (कथासंग्रह) - गोवा कोंकणी अकादेमी (2007), 'गेर्' (कथासंग्रह) - अपुरबाय प्रकाशन (2007), हीं तिचीं प्रकाशीत जाल्लीं पुस्तकां आसात. 'परजळती धोल' (बंगाली) - नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्ली 1996. 'भांगराचें सुकणें' (डोंगरी) - साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली 2004. 'फायर ऑन द मावंटन' (इंग्लीश) - साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली, 2009 अशीं तिचीं तीन अणकारीत पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.

तिणें केरळ, उत्तरांचल, काश्मीर रामेश्वर, कर्नाटक आदी वाठारांनी भोंवडी केल्या.

मडगांव - गोंय हांगा जाल्ल्या 14 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाची ती अध्यक्ष आसली



(1997). तिसरें आन्तरराष्ट्रीय मैथिली संमेलन (2006) आनी भारतीय कोंकणी साहित्य (1997), हांची ती अध्यक्ष आसली. राष्ट्रीय पुस्तकालय, भारत सरकार, कोलकाता आनी अॅशीयाटीक सोसायटी, मुंबय, गवर्नमेंट ऑफ महाराष्ट्राचे वतीन 'मीट द ऑथर' हे कार्यावळिखातीर तिची निवड जाल्ली (2003). तिणें जोडिल्ले पुरस्कार आनी भोवमान अशे आसात. 'ओली सांज' गोवा कला अकादमी, राज्य पुरस्कार 1975, 'विपुला' तेलगू मासिकांत 19 भासांतले कथासर्तींत कोंकणी विभागाचें 1 लें इनाम 1987, 'भुंयचाफीं' साहित्य अकादेमी पुरस्कार 1997, 'गोवन रेव्ह्यू' चो उत्कृष्ट साहित्य - निर्मणी पुरस्कार 1997, कोंकणीची सेवा केल्ले खातीर 'गोवन रेव्ह्यू' वतीन भोवमान 2005, 'मिथिला - रत्न' अतिविशिष्ट साहित्य - निर्मणी पुरस्कार 2006, 'भांगराचें सुकणें' (डोंगरी) साहित्य अकादमी, दिल्लीचो अणकाराचो पुरस्कार 2008. सॅमसँग प्रायोजीत रवीन्दनाथ टागोर पुरस्कार 2012.

**- हेमा नायक**

**कोळंबो (खाण) : पळयात → खतखतें**

**कोळमी :** काजू फळांचो पांयांनी चिड्डून रोस

काडपाची सुवात. आधुनीक पद्दतिची यांत्रीक रोस गाळणी येवचे पयली काजुचे मुट्टे पांया पोंदा चिड्डून तांचो रोस काडप जातालो. आतांय कांयकडेन तो तेच पद्दतीन काडटा. काजुच्या रानांत तळप खणून आनी उपरांत तासून खडपाची टाकी तयार करता. ती टाकी 3 ते 4 फूट लांब आनी एक ते देड फू ट खोल आसता. तिका एकेवटेन मुट्ट्यांचो रोस भायर सरपाखातीर एक वाट करून दिल्ली आसता. पिकिल्लें मुट्टे कोळमेंत दवरता आनी एक वा दोन मनीस ते पांयांनी चिड्डून ताचो रोस भायर काडटा. हो रोस टाकेक करून दिल्लें वाटेंतल्यान भायर दवरिल्ल्या आयदनांत एकठांय जाता. अशेतरेन एकठांय केल्लो रोस उपरांत भाटयेर व्हरून शिजयता आनी उपरांत ताचेपासून काजू फेणी तयार करता.

मुट्टे चिड्डून रोस काडले उपरांत जो मुट्ट्यांचो चाखो (चोथो - रसहिन) उरता ताचेर फातर दवरून ताका चेपल्या उपरांत जो रस येता ताका निरो म्हणटा. हो निरो रुचीक आसता आनी तो एक पेय म्हणून पियेता. आधुनीक काळांत मुट्ट्यांचो रोस यांत्रीक पद्दतीन मुट्टे पिळून काडतात.

- सं.

**पुरक नोंद : काजू**

**कोळी अंक : पळयात → कोंब्या झूज**

**कोळी- 1 (समाज) : पळयात→समाज - कोंकणी**

**कोळी - 2 : पळयात → कापडयो**

**कॉश्त, इपोलितु :** (जल्म : 1866, चिंचोणें; मरण : 1912)

क्रिस्ती धर्म फुडारी. ताणें आपलें धर्मीक शिक्षण राशोल सेमिनारींत घेतलें. उपरांत तो रोम शारांत गेलो. थंय ताणें 'धर्मीक कायदो' विशयांत डॉक्टरेट पदवी मेळयली. 1880 वर्सा ताणें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. थंय ताका ब्राझिलांतल्या गोयाझ (Goiaz) ह्या शाराचो बिशप, एदुआर्द द सिल्व्हा आनी ताचो चिटणीस हांचो पालव मेळ्ळो. फुडें थंय ताणें एपिसकोपल इन्स्टिट्यूट ऑफ गोयाझ (Episcopal Institute of Goiaz) हे संस्थेची थापणूक केली आनी ते सेमिनारिचो तो डायरेक्टर जालो. मानाउश (manaus) डायोसिजीचो बिशप डॉ. जुज लोउरेन्सु द कॉश्त आगियार हाचे माणगेवयल्यान तो 1817 वर्सा मानाउश वाठारांत गेलो. 1897 ते 1902 हो काळ मेरेन तो सेमिनारिचो अधिकारी आशिल्लो. फुडें 1902-1906 वर्सा मेरेन तो डायसिजीचो व्हिकार जनरल (Vicar General) जालो. बिशप मरतकच ताका मायटर (Mitre) पाद्रीपणाचो खास भेस दिवपाचो थारायलो. पूण ताणें तो न्हयकारलो आनी आपोस्तोलिकाचो प्रशासक म्हूण डायोसिजीचो कारभार चलोवंक लागलो. तो 'हिस्टोरिको' जिओग्राफिकल इन्स्टिट्यूट ऑफ रिओ द जानैरो आनी 'रोमन आरकादिया' ह्या संस्थांचो फेलो आशिल्लो.

- सं. मं.

**कॉश्त, चार्लस फ्रान्सिस द (चाफ्रा) :** (जल्म 10 ऑक्टोबर 1931, रुजायां - मंगळूर; मरण 3 डिसेंबर 1992 मंगळूर)

कर्नाटकांतलो नामनेचो कोंकणी कवी, नाटककार, पत्रकार आनी संघटक. ताका चाफ्रा (ताचें आनी बापायचें आद्य अक्षर) ह्या नांवानच चड वळखतात. आवयचें नांव माडता आसलें. चार्लस हो सगळ्यांत व्हडलो पूत. ताचें 1974 त स्टेला हिचेंकडेन लग्न जालें. तांकां विनोद आनी सोनिया अशीं दोन भुरगीं आसात. ताचें प्राथमिक शिक्षण कास्सिया (मंगळूर) हांगच्या सँट जॉन द बाप्टिस्ट शाळेंत जालें. फुडलें शिकप मिलार हायस्कुलांत घेतलें. 1948 वर्सा तो मुंबय गेलो. थंय दोन वर्सां वेंचणूक कमिशनाच्या कार्यालयांत काम करून उप्रांत मुंबयच्या 'बेस्ट' कंपनींत काम केलें. 1959 त ताणें 'पयणारी' हें कोंकणी पत्रिकेचें संपादन केलें. मागीर

स्वताचो छापखानो घालून 'विशाल कोंकण' नांवाचें कोंकणी नियतकालीक सुरू केलें. तेभायर 'जाग-माग' (1956) उदेव (1967) आनी 'जिवीत' (1983) हाचें ताणे संपादन केलां.

एक बरो संघटक म्हणूनच ताची नामना आसा. मुंबय आसतना तेदेवेळचो मुंबयचो कामगार फुडारी जॉर्ज फर्नांडीस हाच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें 'दोत विरोध संघ' स्थापीत करून आनी सामाजीक विशयाचेर बरोवन जनजागृताय केल्या. सामाजीक असमतेआड आपल्या वावरान, विचारान तशें लेखनांत ताणें सामाजीक चळवळ चलयल्या. समाज, धर्म आनी अर्थकारण हांचेवरवीं जावपी सामाजीक आनी आर्थीक शोशणां आड तो आपले कृतीन आनी लेखणेन झुजला.



ताणें कविता, कथा, नाटक, निबंध, एकांकी अशे विविध साहित्यप्रकार व्हड तांकीन केळयल्यात. ताच्या काव्यमय आनी चिंतनशील प्रयोगक्षम नाटकाचे प्रयोग गोंय आनी आखाती देशांनी पावल्या. ताणें बरयल्लीं नाटकां अशीं आसात. 'सोबीत संवसार' (1955) 'आंकावर मेस्त्री' (1957), 'भांगर मनीस,' 'विशिंतीचे भाव,' 'नोर्जी नुतेल,' 'टोमॅटो,' 'माकडाचो पाय,' 'दोरो,' 'सात जीव,' कुंवाळ्याची वाल,' 'हांडो उटला,' 'बोचो बंद,' 'देव पळेत आसा', 'मासो' आनी 'तर्नेतर्नेमोर्ने' (1973), 'सुणे मांजर हांसता' (एकांकी 1977) आनी 'चोर्जी बुतले.' हातुंतले 'भांगर मनीस' हें नाटक मंगळूर युनवर्सिटिच्या बी. ए. च्या अभ्यासक्रमाक लागिल्लें.

नाटकांभायर ताचीं 'मेल्ले' (कथा संग्रह 1949) आनी 'पैणाऱ्यांचो इश्ट' (चरित्र -1954) हीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यात.

ताचें कोंकणी बरप कन्नड लिपिंतल्यानच चड उजवाडाक आयलां आसलें, तरी 'सुणे माजर हांसता', 'तर्नेतर्नेमोर्ने' आनी 'सोशाचे कान' ह्या पुस्तकांचे कानडींतल्यान देवनागरी लिपींत लिप्यांतर जालां. हातुंतल्या 'सोशाचे कान' ह्या कविता झेल्याक 1989 वर्साचो साहित्य अकादेमी (नवी दिल्ली) चो पुरस्कार फाव जाला.

ताच्या बरपांत ताणें समाजांतलीं धोंगां पोंगां, उणेंपणां, ढोंगां हांचेर बोट दवरून व्यंगात्मक आनी उपहासात्मक टिप्पन करून समाजाचें प्रबोधन करपाचें बेस बरें काम केलां.

मंगळुराच्या कर्नाटक कोंकणी भाशा मंडळाचो तो संस्थापक अध्यक्ष आसलो. 1987 वर्सा, सांखळी गोंय हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाच्या अध्यक्षपदार ताची निवड जाल्ली.

ताका मंगळुरचो "कोंकणी साहित्य कलारत्न" पुरस्कार फाव जाला. ताच्या कवितांचेर आधारीत आनी एरीक ओझारियो संचालीक 'मांड सोभाण' ही नाच-संगिताची कार्यावळ सगळ्या कोंकणी वाठारांनीं गाजल्या. ताच्या गिताच्यो 'रंग तरंग' आनी 'मांड सोभाण' ह्यो दोन कॅसेटी आयल्यात.

- सं. मं.

- डॉ. गीता शेणै

**कौल (प्रसाद)** : देव,देवचार सारख्या दैवी शक्तींकडसून मेळिल्ली मान्यताय, कृपा वा आश्वासन. देव - भावार्थी लोक कसलेंय म्हत्त्वाचें काम करुंक घेवचे पयलीं वा कसलेंय संकश्ट आयलें तर तें निवारपाक देवाकडेन वचून, काम करपाक देवाची अनुमती (अनुग्रह), वा संकश्टांतल्यान भायर सरपाक देवाचो आशिर्वाद मागता. थंय कौलाचे विधींतल्यान ताका दैवी शक्तीचें जशें उतर मेळटा, तेप्रमाण तो दैवी शक्तीचो आदेश समजून देव - भावार्थी मनीस आपली फुडली कार्यावळ आंखता. हाका देवाक कौल लावप वा देवाचो प्रसाद (कृपा) घेवप म्हणटात.

कौल हें उतर अरबी आनी संस्कृत भाशांवयल्यान घडलां. अरबी भाशेप्रमाण कौल हाचो अर्थ कथन, प्रतिज्ञा, खात्रेचें उतर आनी वादो (वायदो) असो जाता. संस्कृत भाशेप्रमाण हांचो अर्थ धांपणें, तड, आडो असो जाता. मराठी भाशेंत हाचो अर्थ अभयपत्र, आश्वासन, देवाची संमती असो जाता.

कौल लावप हाका प्रसाद घेवप हें पर्यायी उतर वापरप जाता आसलें आनी दोनय विधीं फाटलें उद्दिश्ट देवाचो आशिर्वाद घेवपाचो आसलो, तरी ह्या दोन विधींमदीं कांय मूलभूत फरक आसात. कौल हो चड करून अवसरा (भार) कडच्यान घेता, तर प्रसाद हो देव - देवतेचे मुर्तीकडसून घेता. दर एका गांवांत थारावीक वर्सुकी धार्मीक दिसा (दसरो, होळी, धुळवड, गुलाल) पारंपारीक रितीन गावांतल्या मनशांचेर थारावीक दैवी - शक्तींचो अवसर (भार) येता. तो अवसर आस म्हणसर त्या मनशाच्या आंगांत आयिल्ले दैवी - शक्तीचो अनुग्रह (कृपा) म्हणून त्या मनशाच्या हातांतल्यान नाल्ल, बिबूत (पवित्र गोबोर) घेवन तो देवाचो कौल (निर्णय) समजून घरा व्हरता. अशा वेळार अवसरामुखार आपले प्रस्न दवरून, तांचें निवारण करपाची ताका विनंती करून ताच्या हातसून कौल (नाल्ल, बिबूत, फूल, अक्षता) घेवप जाता.

प्रसाद हो चडकरून देवाचे मुर्तीक लायता. अवघेचकडेन तो मुर्ती मुखार दवरिल्ल्या लाकडा खांब्याक वा धातू पट्टेक लायता. देवाचे मुर्तीच्या वेगवेगळ्या आंगांक (मस्तक, दोळे, हड्डें, हात, पांय बी) फुलां, फुलां पाकळ्यो, पानां, कळयो, तांदूळ (खंयचीय एक वस्त) उदकांत बुडोवन लायतात. (दसयतात) हाकालागून प्रसाद लावपाक 'कळी लावप,' 'फूल लावप' म्हणटात. उप्रांत प्रसाद घेवंक आयिल्ली व्यक्ती आपले प्रस्न आनी आपल्यो इत्सा देवामुखार कथन करता. ताचें हें कथन प्रसाद लावपाखातीर नियुक्त केल्लो गुरव, भट, पुरोयत देवाच्या कानार घालता आनी अपेक्षीत कळी (अनुग्रह कौल - निर्णय) मागता. कांय वेळान एका फाटल्यान एक कळी (पाकळी, पान, तांदूळ) मुर्तीच्या आंगावयल्यान झडटा. दर अवयवावयल्या कळयेच्या झडपाक सांकेतीक असो संदर्भ आसता आनी तो प्रसाद लावपी गुरव, भट, पुरोयत स्पश्ट करता. सादारणपणात उजवे वटेनची पाकळी झडली तर तो देवाचो हयकार समजता. तशेंच मस्तक, मूठ, मांडी ह्या अवयवाकय खाशेलो संदर्भ उरता. पर्थून दाव्यान वा उजव्यान पयली, तिसरी, पांचवी अशी गड्यान आनी दुसरी, चवथी आनी सवी अशी फाड्यान झडिल्ले कळयेफाटलो संदर्भय वेगळो आसता.

सादारणपणान देवाची पुजा - अर्चा जावन आंगावयलें निर्माल्य देवयले उपरांत प्रसाद लायतात. सगळ्याच देवळांतल्या देवांक प्रसाद लायनात. कांय देवळांनी प्रसाद लावपाची परंपरा ना. सर्वसादारणपणान देवळांतल्या मुखेल देवाक प्रसाद लावपाची पद्दत आसली तरी कांय देवळांनी दुय्यम देवाचे मुर्तीक प्रसाद लायता. कांय देवळांनी देवाचे मुर्तीक प्रसाद लायना तर मुर्तीमुखार दवरिल्ल्या लाकडी खांब्याक वा धातुचे पट्टेक प्रसाद लायता. प्रसाद लावपाचे दीस तसो वेळ वेगवेगळ्या देवळांनी थारायल्लो आसता. कांय दीस, कांय म्हयने आनी कांय तिथी प्रसाद लावपाक वर्ज्य आसता. कांयकडेन एकादशीक वा उमासेक प्रसाद लागना, तर कांयकडेन ज्येष्ठ वा आश्वीन म्हयन्यांत

प्रसाद जायना. कांयकडेन दीसभर, तर काव्यकडेन सांजवेळचोच प्रसाद लायता. भोवतेक कडेन दीस धारेक गेल्या उप्रांत प्रसाद लायनात तर कांयकडेन मध्यानरातमेरेन प्रसाद लायतात.

कांयकडेन फांतोडेचेर प्रसाद लावप सुरू करून सुर्योदयाआदीं तें काम सोंपयता.

प्रसाद लावपाचे कांय पारंपारीक क्रम आसात. सगळ्यांत पयलीं दयेचो प्रसाद लायता. दयेची पाकळी जाल्या उप्रांतच मुखेल प्रस्नासंबंधी प्रसाद मागता. दयेची पाकळी जालीना तर फुडल्या प्रस्नांक देवाची अनुमती ना अशें समजप जाता. मुखेल प्रस्न मांडून जातकीर अखेरेक राखणेचो प्रसाद लायता.

राखणेची पाकळी मेळटकीर प्रसाद लावपाची क्रिया सोंपता. प्रसाद लावपाची प्रक्रिया चलताना वेगवेगळ्या प्रस्नांचेर फाव तशी पाकळी झडलिना तर पर्थून फावती पाकळी मागप जाता. तरीय ती मेळलिना तर तें देवाचें रागणे समजून तें निवळावपाक देवाक दान वा देवाचें व्रत करपाक सुचयता.

मुर्तीपुजा आसा थंय सगळ्याच प्रदेशांनी ह्या ना त्या प्रकाराची प्रसाद घेवपाची परंपरा आसली तरी अशी परंपरा हिंदू मदींच दिसता. कोंकण प्रदेशांतली ती खाशेली परंपरा आसा. गोंयांत हिंदू देवळांनी ख्रिश्चन तशे मुसलमान लोकय प्रसाद घेतात. बाटाबाटीपयलीं हांगचे ख्रिश्चन हे मुळचे हिंदू आशिल्ल्यान, तांचेकडेन ही प्रसादाची परंपरा उरल्या.

लग्न कार्य, नव्या धंद्याची सुरवात, नोकरी, शिक्षण, आरोग्य अशा प्रस्नाचेर कुलदेवाचो तसो हेर भजक - देवाचो कौल घेवपाची परंपरा आयच्या आधुनीक काळांतय कोंकण प्रदेशांत व्हड प्रमाणांत दिसता. हाचें फाटलें कारण स्पश्टपणान सांगूंक येना. कांय जाणांक हाच्या फाटल्यान विज्ञानीक शास्त्र दिसना, तरीय प्रसंग येतकीर, तातुंतले बरेचजाण कौल-प्रसाद घेतात. कांय जाण एक पारंपारीक, धार्मीक, सांस्कृतीक विधी म्हणून ताचेकडेन पळयतात.

देवभोळे तशे देवाचेर भावार्थ दवरपी देव-भावार्थी आपल्या दर एका कामांत देवाचें सहकार्य आसचें हे भावनेंतल्यान प्रसाद घेतात. यत्न करून करून खर्शेले तरी अपेक्षीत फळ मेळलेंना म्हणून कांयजाण एक अखेरचो पर्याय म्हणून वा परिस्थितिकडेन शरणागती हे भावनेन कौल घेतात.

**- सं.**

**पुरक नोंद : 1) कोल, 2) अवसर**

**खटखटें :** खटखटें हो एक गोड जिन्नस. जेवल्या उपरांत तोंडात उडोवपाक हो जिन्नस खवय्यांक खूब आवडटा. ह्या जिन्नसांत आशिल्लें आलें, गॉड जावं भिकणां हे सगळे पुश्टीक जिन्नस. चड करून ल्हान भुरग्यांक हे खटखटें खावंक दिवचें आनी खटखट्या सारके आमचे पारंपारिक आनी पुश्टीक जिन्नस खावपाची तांकां आमी संवय करची.

**खटखटें करपाची रीत :** साहित्य : 1 किल चिकी, गॉड, पाव किल मस्मी भिकणां (भाजिल्लीं), एका नाल्लाची सोय, आल्याचें एक व्हडलें कूट, दोन पेले उदक, एक चमचो खोबरेल तेल.

**कृती :** मंद उज्यार एका तोपांत उदक घालून गॉड शिजोवचें. गॉड शिजतकच तातूंत सोय घालची. आलें बरें धाडावन तातूंत घालचें आनी चाळत रावचें. मागीर तातूंत मस्मी भिकणांचे कुडके घालचे. सुकें जायसर शिजोवचें.

मागीर हें मिश्रण खोबरेल तेल सारयिल्ल्या परातींत ओतवचें. न्हिवतां न्हिवतां हातार इल्ली गुळी घेवन ती दुसऱ्या हातान चेपून ताची खटखटी करची. ल्हान ल्हान प्लास्टीक कुडक्यांत ही खटखटी एकेक करून गुठलावची.

शियांच्या वा पावसाच्या दिसानी ही खटखटी तोंडात घालून चघळटना एक आगळीच रूच लागता.

**- अमिता नायक सलत्री**

**खटारो : पळयात → बैलगाडी**

**खडावो (पादुको) :** लांकडाच्या पायतणाक (पादत्राण) खडावो म्हणटात. खडावो घालून रस्त्यार चलतना खडावांच्या लांकडाचो खड खड करून आवाज येता म्हणून ह्या पायतणाक खडावो म्हणटा आसूं येता.

खूब आदल्या काळांत लोक झाडांच्या पानांचीं, सालिंची वा वालिंचीं पायतणां वापरताले. उपरांत खडावो



तयार करपाची कला आयली. राजा, सरदार, संन्यासी, साधू, तांचे शिश्य, मठाधीश, पुजारी हे खडावो वापरताले. आयज चामडें वा प्लास्टिकाचीं पायतणां आसूनय धर्मीक स्थळांनी वावुरपी स्वामी, पुजारी खडावोच वापरतात. हाचे कारण म्हणजे खडावो ह्यो लांकडी आशिल्ल्यान त्यो अनवाळ्यो मानतात. चामडें वा प्लास्टीक अनवाळें मानिना. म्हणून खडावो घालून मठांत वा देवळांत प्रवेश करूंक मेळटा. चामड्याचीं वा प्लास्टिकाचीं पायतणां धर्मीक सुवातींच्या दारा भायर दवरतात.

हिंदू धर्मात स्वामी-महंताची पाद्यपुजा करपाचो धर्मीक उपचार आसता. तेन्ना पायांचे पुजे वांगडा तांच्या खडावांचीय पुजा करतात. कांय कडेन लोकांक मार्गदर्शन करपी सद्‌गुरू मरतकच ताच्या पादुकांची प्रतिष्ठापना देवळांत करून सद्‌गुरूच्या नांवान ताच्या पादुकांची (खडावांची) पुजा अर्चा करतात. श्री दत्ताचे मुर्ती इतकीच भावीक दत्त-पादुका पवित्र मानतात. नरसोबाची वाडी, औदुंबर आनी गाणगापूर ह्या दत्त संप्रदायी क्षेत्रांत दत्ता इतकीच दत्त पादुकांची महिमा आसा. रामायणांत राम वनवासाक गेले उपरांत ताच्यो पादुका शिंवासनार दवरून ताच्या भावान भरतान राज्य केल्लें.

खडावांक भलायकी आनी मानसशास्त्राचे नदरेनय म्हत्व आसा अशें कांय जाणांचे मत आसा. खडावो घालून चलतांना, चलतल्याक चलतांना आपलो तोल सांबाळपाक आंगठो आनी कुशिच्या बोटांमदीं खडावांची खुंटी घट्ट आवळून धरची पडटा. तेन्ना कुडिच्या कांय शिरांचेर ताण पडून त्यो सक्षम जातात. तशें जावपांतल्यान ब्रह्मचर्य सांबाळपाचें मनोधैर्य निर्माण जाता असो अदमास आसा. साधू-संन्यासांच्या शारिरीक आनी मानसीक वेव्हारांत ब्रह्मचर्याचो आचार अगत्याचो मानला. ह्या आचाराक खडावो उपकारक जावं येता असो एक विचार आसा.

- **माणिकराव गावणेकार**

**खडीसाकर : पळयात → साकर**

**खडू :** पाटयेर वा फळ्यार बरोवपाक ज्या वस्तुचो उपेग करतात ताका खडू म्हणटात. हाका इंग्लिशींत 'चॉक' म्हणटात.

खडूंत प्लास्टर ऑफ पॅरिस सारको मुखेल घटक, केआलिना सारको भरणद्रव्य, रंजकद्रव्य आनी बंधकद्रव्य हीं मुखेलपणान आसतात. हो खडू सु. 8 सें.मि. लांब आनी काडये आकाराचो आसता. तो तयार करपा खातीर प्लास्टर ऑफ पॅरिसांत हें साहित्य एकठांय करून ताचो पातळ लेप एका साच्यांत रकयतात. हो पातळ लेप थोड्या वेळा भितर घट्ट जावन येता. उपरांत हो साचो उक्तो करून मेकळ्या वाऱ्यार सुकत घालतात.

रंगीत खडू खातीर तातूंत रंजकद्रव्यांचो उपेग करतात. कपडे शिंवच्या पयलीं शिंपी घेतिल्ल्या जोखाप्रमाण कपड्यार मापां (खुणो) करपा खातीर वापरता त्या खडूंत शाबू, ग्लिसरीन, मेण आदी घालतात. हो खडू कापा सारको चेपटो आसून तांणे केल्ल्यो खुणो सहजतायेन पुसनात. मेण, शाबू, जवसाचे तेल, रंजकद्रव्यां आदी साहित्य एकठांय करून रंगीत खडू तयार करतात. हे रंगीत खडू चित्रां काडपा खातीर तशेंच कांय परिभाशा, सुविचार, कठीण उतरां, शब्दार्थ आदी हांचेर वर्गांत विद्यार्थ्यांचे लक्ष केंद्रीत करपा खातीर वापरतात. हारशां पसून कोरीव काम करतनाय ह्या खडुंचो वापर करतात. पूण हो खडू पेन्सिलीच्या स्वरूपांत मेळटा. हातूंत मेण, जवसाचें तेल आनी रंजकद्रव्यां आसतात. फातर, तरेकवार धातूंचे पत्रे, कात आदी हांचेर खुणो करपा खातीर अशे खडू मेळटात. तातूंत शाबू, मेण, रेझीन, काजळी आदी आसतात.

आदल्या काळांत मुळावी शाळा ते महाविद्यालया मेरेन विद्यार्थ्यांक शिकोवपाक काळो फळो आनी धवो खडू हाचो सर्रासपणान वापर जातालो. आयज लेगीत हो वापर चालू आसा. पूण आतां जायते कडेन काळ्या फळ्याचे सुवातेर खाशेले बनावटीचो प्लास्टिकाचो धवो फळो आनी खडूच्या जाग्यार शायेचे पेन (मार्कर) वापरतात.

कांय शिक्षणीक संस्थांनी आधुनीक तंत्रगिन्यानाचो वापर करून फळ्याचे सुवातेर पड्डो (स्क्रीन) आनी त्या पड्ड्यार प्रोजेक्टरा वरवीं अक्षर-लेखन करून विद्यार्थ्यांक शिकोवप जाता. वर्ग विरयत शिकोवणे खातीर आतां इंटरनेट, संगणक अशा म्हायती तंत्रगिन्यानी साधनांचो वापर जाता.

**- सं. मं.**

**खड्डो (नाटकाचो)** : नाटकाची पाठांतर चोपडी. आदल्या काळांत गावांतल्या सणा -उत्सवांक, चड करून शिंगम्याक वा जात्रेक, गांवचे कलाकार वा देवळाचे म्हाजन कलाकार गावांत नाटकां करताले. कलाकारांक मेळिल्ल्या पार्टीचें (भुमिकेचें) भाशण पाठ करपाची सोय म्हणून भुमिके कणकणी भाशणाचे खड्डे तयार करताले.

गावांतलो एक नाट्य-जाणकार नाटकाची निवड करतालो. आपल्या अणभवाच्या आदारान तो गांवच्या कलाकारांक त्या नाटकांतल्या भुमिकांचे वाटप करतालो. भुमिकांचे वाटप जाल्या उपरांत खड्डे तयार करपाक सुरवात जाताली.

खड्डे तयार करपाक नाटकाच्या पुस्तकाच्यो दोन प्रती लागताल्यो. एके प्रतिचेर पानाची फुडली बाजू (फुडलें पृश्ट) मेकळी दवरून फाटले बाजुच्या (पृश्टाच्या) मजकुराचेर पेनान वा पेन्सीलीन फुलयो मारून वा रेगो मारून ही दुसरी बाजू बाद करताले. हेच तरेन नाटकाच्या पुस्तकाचे दुसरे प्रतीचेर फाटली बाजू (फाटलें पृश्ट) मेकळी दवरून फुडल्या पृश्टा वयल्या मजकुराचेर फुलयो वा आडयो मारून ताचे वयलो मजकूर बाद करताले.

उपरांत मेकळो उरिल्लो दोनय प्रतींतलो मजकूर नाटकांतले ते ते भुमिकेच्या भाशणा प्रमाण कातरीन कापून एके वापरिल्ले चोपडेर दसयताले. देखीक : कृष्ण हे भुमिकेच्या भाशणाचो नाटकांतलो सगळो भाशण-मजकूर (दोनय प्रतींतलो) एके हारीन (पयले तें निमण्या पाना मेरेन) सलगतायेन चोपडेच्या पानांचेर गोमान दसयताले. भाशणाचो मजकूर कापपाचे हे क्रियेक नाटक कापप म्हणटाले. खंयचें नाटक काडलां अशें म्हणचे सुवातेर खंयचें नाटक कापलां अशें विचारताले. असो भाशणां दसयल्लो खड्डो घेवन ती भुमिका सादर करपी कलाकार, तें भाशण पाठ करतालो. नाटकाच्यो तालमी सुरू जावचे पयलीं अशे खड्डे त्या त्या कलाकाराक वाटपाची चाल आसली. कलाकार आपल्या वांट्याक आयिल्लें खड्ड्या वयलें भाशण तोंड पाठ करतालो.

उपरांत अनेक भुमिकां मदलो संवाद, म्हणजे कोणा फाटल्यान कोणाचे आनी खंयचें भाशण करपाचें ताचो सराव तालमेच्या वेळार जातालो. नाटकाची तालीम

घेवपी नाटकाचो दिग्दर्शक सगळ्यांच भुमिकांच्या कलाकारांची एकत्रीत उजळणी कशी भाशणांवरवीं संवादाची तयारी करून घेतालो. खंयच्या प्रसंगार वा खंयच्या भाशणा उपरांत आपलें भाशण सुरू जाता हाची याद दवरपाची तालमिंनी तयारी जाताली. जेन्ना खंयचोय एक पार्टी तालमीक गैरहजर रावतालो तेन्ना तालमी घेवपी दिग्दर्शक ताच्या वाट्याचें भाशण, ताचे वतीन म्हणून तालीम फुडें चलयतालो.

आदल्या काळांत नाटकाचीं पुस्तकां गांवगिऱ्या वाठारांनी जाय तितल्या प्रमाणांत उपलब्ध नासतालीं. हे अडचणींक लागून नाटकाच्या पुस्तकाच्या दोनच प्रतींचेर भागोवन घेवपाचे सोयीतल्यान खड्डो हो उपाय मुखार आयला आसूं येता. ते भायर आदल्या काळांत जाता तितके काटकसरीन आनी उण्यांत उण्या साधनसामुग्रेन मनोरंजनाच्यो कार्यावळी करपाची लोकांची वृत्ती आसली. हे वृत्तीक लागूनय खड्डे तयार करपाची चाल जाली आसूं येता.

आतां नाटकाच्या पुस्तकाच्यो जाय तितक्यो प्रती उपलब्ध आसतात. ते भायर आदली काटकसरीची वृत्तीय पातळ जाल्या. आतां दर एकलो कलाकार, आख्खें पुस्तक हातांत मेळिल्ल्यान, आपल्या भाशणाचो क्रम ताका बरे तरेन अवगत जावंक पावता. आदलेवरी तालमेवेळारच भाशणाचो सराव करिनासतना तालीम नासतांनाय तो तसो सराव करूंक शकता.

आयच्या काळांत खड्डे करपाचें मेहनतिचें आनी किचकिटिचें काम पुरायपणान थांबलां.

- सं.

**खण : (वस्त्र) :** बायल मनशेचें कमरा वयलें आंग धांपपी चोळये सारकिलें (blouse) वस्त्र तयार करपाक वापरता तो सादो सुती कपडो. साडी (स वारी) वा कास-कापड (णव वारी) न्हेसपाक चोळी हें आनीक एक वस्त्र लागता. ही चोळी शिवपाक जरिची देग आशिल्ल्या खणाचो वापर करतात.

आदल्या काळांत सर्रासपणान वापरांत आशिल्ल्या कास-कापड वस्त्राक जरिची देग आनी जरिचो पदर आसतालो. देगेचें कापड आनी ताचेर देगेची चोळी असो तो एकरूप (Matching) भेस जातालो.

देगेचीं णव वारी कास कापडां आतां फाटीं पडिल्ल्यान आनी देगे बगरच्यो साडयो वापरांत आयिल्ल्यान खणांच्यो चोळयो वापरप आतां उणें जालां. ते भायर आतांच्या काळांत देगेच्या तशें बीन देगेच्या साडयां वांगडा साडयेक एकरूप जाता असो साडयेच्या दर्ज्याचो चोळयेचो कपडो येता. ते खातीर खणासारखो उण्या दर्ज्याचो कपडो वापरपाची गरज उरना.

धार्मीक आनी सामाजीक सुवाळ्यानी सवायशीण बायलेची व्हांट भरपाची रीत आसा. ही व्होंट कापड वा साडी आनी खण वा निखट्या खण-नाल्लान भरतात. आतां खणाचो वापर करिनासल्यान खणाचे सुवातेर ब्लाऊज-पीसचो व्होंटयेंत आसपाव जाता.

देवीची व्होंट भरताना आजय खणानच भरतात. देवीचें न्हेसण णव वारी कापडच आशिल्ल्यान ह्या न्हेसणाक फावशें वस्त्र म्हणजे खण जाता जाल्ल्यान हांगा खणांचो वापर जाता.

आयचे घडयेक मनीस आदल्या खणाचो वापर खुबूच उणो करता आसलो तरी उंचेल्या दर्जाचो, खणा मोदिचो कपडो खणाचे पद्तीन वापरप जाता.

- सं.

**खत्ना :** एक मुस्लीम संस्कार. दादल्याच्या जननेंद्रियाचो फुडल्या तोंका कडचे कातिचो थोडोसो अग्रभाग कापून उडोवपाच्या क्रियेक 'खत्ना' हें नांव दिलां. हाकाच खितान, सुन्नत वा सुंता म्हणटात. हे क्रियेचो उल्लेख तसो कुराणांत खंयच ना. तेच प्रमाण स्वता मुहंमद पैगंबरानूय आपल्याक खत्ना करून घेतिल्ल्याचो पुरावो सापडूंक ना.

ही प्रथा हजरत इब्राहिम हाच्या काळासांवन

अरबस्तानांत प्रचलीत आशिल्ली. पूण मुहंमद पैगंबर आनी ताच्या आदले सोळा पैगंबर (प्रेषित) खत्ना केल्ल्या स्थितिंतूच जल्मल्ले, असो समज आसा.

भुरगो जल्माक येवन सात दिसांनी अकीका वा नामकरण म्हणजेच बारसो ह्या संस्कारा वांगडा खत्नाय करतात. ह्या वेळार ज्यां भुरग्यांचें खत्ना करपाचें उरिल्लें तांणी 7 व्या वा 12 व्या वर्सा पिरायेचेर केन्नाय तरी तो करून घेवचो, असो संकेत आसा. हें काम करपाक खास अशे म्हाले आसतात. तांकां 'खलीफा' म्हणटात. हो विधी मुस्लीम धर्मांत अपरिहार्य मानला. जननेंद्रीय नितळ उरपाक हाची मदत जाता अशें समजतात. ताका लागून जननेंद्रीय संबंधीत पिडा जावंक पावनात असो समज आसा.

-सं.

**खतखतें : (कोळंबो) :** कोकणांतलो एक पातळ फळ भाजयेचो (रोस) प्रकार. हे भाजयेंत कोंकणांत निर्माण जावपी तरेकवार फळ भाजयांच्यो फोडी आनी कड्डुण घालून मसालेदार पदार्थ करतात.

खतखतें करपाक लागपी साहित्य : एक दुदयाची शीर, एक वायंगें, अर्दी तन्नी पोपाय, धा मुंडल्यो (कंद-माडयेच्यो), एक तन्ने केळें, एक मुळो, अर्देतवशें, अर्द निरपणसाच्यो फोडी, दोन बटाट, चार सुरणाच्यो फोडी, मूठभर चिटक्यो, एक कुलेर आमटाण, पंदरा तेफळां, बारा तांबड्यो मिरसांगो, 100 ग्राम तूरदाळ, 100 ग्राम चणे (वाटाणे), एक चमचो हळदी पिठो, एका नाल्लाची सोय, रूचीपुरतें मीठ आनी गॉड.

**करपाची रीत :** पयलीं चणे आनी दाळ शिजोवची. उपरांत तातूंत शाक भाजयेच्यो घट्ट फोडी (मुळो, सुरण, मुंडल्यो आदी) शिजोवच्यो. मागीर हेर मोव फोडी तातूंत घालून शिजोवच्यो.

सोय, आमटाण, मिरसांगो, हळद हें सगळें थोड्या उदकांत वाटून तें वांटप शिजयल्ल्या फोडिंनी ओतचें. रूचीपुरतें मीठ आनी गॉड घालून हें सगळें बरें चाळचें. चुली वयलें सकयल देंवयचे पयलीं तातूंत तेफळां चेंचून घालचीं.

गोंया भायर दक्षिणेक (कर्नाटक, केरळ) कोंकणी समाजांत खतखत्याक कोळंबो म्हणटात. हांगाची खतखतें करपाची रीत थोडी वेगळी आसा. हांगाचे लोक वयर दिल्ल्या जिन्नसां वांगडा म्हसका-शेंगो, पडोळें, भेंडे, कारातें हेय जिन्नस घालतात. तशेंच सासवां, मेथी, कोथंबीर, जिरें, मिरयां, हिंग आनी करबील तेलांत तळसून तांचें फोण्ण दितात.

खतखतें हें उतर हे भाजयेक शिजयतना येवपी खतखत्याक लागून आयलां आसूं येता. ह्या खतखत्यांत जायत्या तरांच्यो भाजयो आशिल्ल्या कारणान, खूब वस्ती दाटी-वटीन एकठांय दवरल्यो, तर ते करणेक खतखतें केलां अशी ओपार मारता.

कोंकणी समाजांत व्हड जेवणावळिंनी खतखतें हो खाण प्रकार मुजरत आसता. चड प्रकारच्या भाजयांचो वापर करपाक हांगा सोय जाल्ल्यान, हो खाणाप्रकार व्हड संख्येन जेवतल्यांक वाडपाचे नदरेन सोयिचो जाता. हाका लागून लग्न, मूज, देवस्थान उत्सव, जेवणा वेळार खतखतें मुजरत करतात.

खतखत्यांत जायत्या फळ भाजयांचो आसपाव आशिल्ल्यान वेगवेगळ्या भाजयांतलें पुश्टीक सत्व एकाच वांगडा खातल्याक मेळटा. हाका लागून भलायकेचे नदरेनय खतखत्याक म्हत्वा प्राप्त जाता.

**-अमिता नायक सलत्री**

**-सं. मं.**

**खतो लावप, काडप :** एक गांवठी (घरगुती) वखदी उपचार. खतो म्हणजे लेप. हो लेप वखदी वनस्पतींचीं पानां फातरीर वांटून तयार करतात आनी उपरांत कायलीर हून करून दुखिच्या आंगार थापता. लेपांतले वनस्पतीचे वैजकी गूण आनी तातूंतली हूनसाण दुखऱ्या आंगाची दूख ओडून

वेता.

जेन्ना रोगजंतुचो शिरकाव कातींत जाता, तेन्ना थंय मुखेलपणान आंग तापप, आंग फोडप (दुखप) आंग सुजप, आंग तांबडे जावप वा सांदे धरप अशीं लक्षणां दिसतात. अशा वेळार मुळावो उपचार म्हणून दुखी कडेन खतो लायतात.

दुत्रो, पुनर्नवां, हळद, लसूण, आलें सारकीं दूख काडपी पानां आनी हेर जिन्नस वांटून असो लेप करतात. आंगाक चड तकालस जाले उपरांत वा हेर खंयच्याय कारणाक लागून आंगपांग दुखल्यार, वा जोराक लागून आंगाक काडीमोड जाल्यार, जिरें आनी गॉड एकठांय वांटून ताचो लेप आंगाक लायतात. कसल्याय कारणाक लागून आंगाच्या खंयच्याय भागाक मुको मार बसल्यार त्या भागाक चुन्याचो लेप लायतात.

खतो काडप हो उपचार, खूब आदीं सांवन चालू आसा म्हणपाच्यो नोंदी भारतीय वैजकी शास्त्रांत जाल्ल्याचो मेळटा. पुरातन काळांतलो वैजकीशास्त्री, सुश्रुत हाच्या सुश्रुत संहितेंत लेपाचो उल्लेख आसा.

आधुनिक काळांत, बाम सारकें दूख काडपी तयार मलम उपलब्ध जाल्ल्यान, पारंपारीक घरगुती खतो - उपचार फाटीं पडला. खतो-उपचाराचो परिणाम सावकास जाता जाल्ल्यान आयच्या धांवपळिच्या युगांत लोक जलद परिणाम दिवपी तयार बामाचो चड उपेग करतात. चड दीस आंगार दूख दवरप अपायकारक आशिल्ल्यान खत्याचेरच पातये नासतना दूख काडपी प्रतीजिवी (Antibiotics) वखदां वापरपाचो वैज सल्लो दिता. शारी वाठारांत खतो हो इलाज प्रकार उणो जाला आसलो तरी ग्रामीण भागांत खतो - काडप हो प्राथमिक उपचार म्हणून आयज लेगीत चलता.

-डॉ. भिकाजी घाणेकार

**खरवस : पळयात → पोस**

**खरीप पीक : पळयात → शेती**

**खरे वासुदेवशास्त्री वामनशास्त्री :** (जल्म : 5 ऑगस्ट 1858 गुहागर, रत्नागिरी, मरण : 11 जून 1924 मिरज, महाराष्ट्र)

कोंकणांतलो एक व्हड मराठी नाटककार आनी इतिहासकार. ताचो जल्म मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. ताचो बापूय वेदशास्त्राध्ययन आनी भिक्षुकी करतालो. शाळेंत आसताना ताणें वामन पंडित मुक्तेश्वर, मोरोपंत ह्या कविंच्या साहित्यांचें वाचन केलें. त्या वयांत ताच्यांतलें शीघ्रकवित्व मुख्याध्यापक गो. मा. डोंगरे हाका समजलें. ऐन उमेदीच्या वयांतूच ताचो बापूय भायर पडलो. ताका लागून चार वर्सां ताणें गुहागरांत आपल्या आज्याच्या शिस्ती खाला सारलीं. फुडें, फुडलें शिक्षण घेवपा खातीर तो कोल्हापूराक गेलो. थंय ताणें गोपाळराव श्रीखंडे हाचे कडेन संस्कृताचें अध्ययन केलें. कागलचे संस्थानाधिपती आबासाहेब घाटगे हाणे ह्याच काळांत ताची तुस्त करून ताका महावस्त्र, शालजोडी आनी दक्षिणा दिली. परत एका वर्सांत तो कोंकणांत घरा आयल्या उपरांत ताच्या आज्यान ताचें लग्न केलें.

पुणे शारांत ताची वळख विष्णुशास्त्री चिपळूणकर हाचे कडेन जाली. विष्णुशास्त्री ''काव्येतिहास संग्रह'' हें म्हयन्याळें चलयतालो. तशेंच तो पुणेच्या हायस्कुलांत शिक्षक आशिल्लो. ताचे गैरहजेरींत वासुदेव शास्त्रीन ''काव्येतिहाससंग्रह'' म्हयनाळ्याचें संपादन केलें. उपरांत चिपळूणकर, आगरकर आनी लोकमान्य टिळक हांणी पुण्यांत न्यू इंग्लीश स्कूल काडलें आनी तातूंत शास्त्रीबुवाक शिक्षक म्हण काम दिलें. उपरांत मिरज संस्थानाचे कारभारी य. गो. केळकर हाणें ताची मिरज हांगा इंग्लीश शाळेंत नेमणूक केली.

संस्कृत - मराठीच्या व्यासंगाबरोबरच इंग्लीश भाशा ताणे मिरजेंत आत्मसात केली. पयलिंचे शाळेचें ''इंग्लीश हायस्कूल'' अशें नामाभिधान जालें. एक उत्तम शिक्षक म्हण ताका नामना मेळ्ळी.

शिक्षकी पेशांत ताका संस्थानाच्या समितीचे मळे

दप्तर पळोवपाचो योग आयलो. 1892 त अध्यापना वांगडा उरिल्लो वेळ वाचन, लेखन, संशोधन हातूंत तो सारपाक लागलो.

''आर्यमित्र'', ''निबंध चंद्रिका'', ''रत्नावली'' हातूंतल्यान ताणें स्फूटलेख, परिक्षणां प्रसिद्द केलीं. हाचे पयलीं ''समुद्रकाव्य'' (1884), ''गुणोत्कर्ष नाटक'' (1885), ''यशवंतराव महाकाव्य'', (1888) आनी ''फुटकळ चुटके'' (1891 - भाग 1) हीं पुस्तकां बरोवन उजवाडा हाडलीं.

''गुणोत्कर्ष'' हें शिवाजी - संभाजी बापायपुताचेर बरयल्लें पयले नाटक. इतिहास संशोधन करताना ''तारामंडळ'' (1994), ''विवंचना'' (1917), ''शिव संभव'' (1919), ''उग्रमंडळ'' (1922) आनी ''देशकंटक'' हीं नाटकां निमाण्या दशकांत ताणे बरयलीं. ह्या नाटकांतल्या गितांक चाली दिल्यो. ताका शास्त्रीय संगिताची आवड आनी अभ्यासूय आशिल्लो. इतिहासीक परंपरेतलें ''नाना फडणविसांचे चरित्र'' (1892) ताणे बरयलें. ह्या चरित्रा उपरांत संशोधन, संपादन, प्रकाशनाचो उद्देग ताणे केलो. मळे - दप्तरांतली म्हायती जमा जातकच ताणें 1897 ह्या वर्सा ''ऐतिहासीक लेख -संग्रह'' हें म्हयनाळें सुरू केलें.

अशा रितीन चाळीस वर्सां कडक परिश्रम करून ''इतिहासीक लेख संग्रहाचें'' चौदा खंडांनी विभाजन करून तातूंतले बारा खंड प्रस्तावना बरोवन प्रसिद्द केले. आनी उरिल्ले दोन खंड ताच्या मरणा उपरांत यशवंत ह्या ताच्या पुतान संपादित केले. पयल्या चार खंडांच्यो प्रस्तावना ताच्या पुतान ''मराठी-राज्याचा उत्तरार्ध'' खंड 1 ह्या शिर्शकान परत स्वतंत्र छापल्यो.

इतिहासीक लेखसंग्रहांत 1758 ते 1818 अशा सुमार साठ वर्सांतल्यो पेशव्यांच्यो इतिहासीक घडामोडी सुसंगत अशो पयलेच फावट उजवाडा हाडल्यो. पानीपत लडाये उपरांतच्या इतिहासाच्या नदरेन ह्या पटवर्धन दप्तराची तपशीलवार सुसंगती कळपाक हे खंड खूब म्हत्वाचे आसा.

ह्या संग्रहा भायर ताणें ''इचलकरंजी संस्थानचा इतिहास'' (1913), ''मालोजी व शहाजी'' (1920), अशीं ल्हान पुस्तकां बरयलीं. ह्या भायर ''हरिवंशाची बखर अथवा पटवर्धन सरदारांच्या हकीकती'' (1909) हो ग्रंथ ताणे संपादून प्रसिद्द केलो.

वासुदेवशास्त्री हाच्या मरणा उपरांत मिरजेक ''खरे स्मारक'' बांदलें.

**- सं. मं.**

**खलप, वामन अनंत शेट :** (जल्म : 1882, म्हापशें, गोंय, मरण : 1964).

एक गोंयकार लेखक. ताचें मुळावें शिक्षण घरांतच जालें. फुडें ताणें पुर्तुगेज सेगुंद ग्राव मेरेन शिकप केलें. बंगालींत आनी कोंकणींत एकसारकेंपण आसा हें कोणेतरी सांगिल्ल्यान ताणें बंगाली भाशेचो अभ्यास केलो.

ताका इतिहासाची आवड आशिल्ल्यान 1911 वर्सा ताणे कांय लोकांच्या आदारान म्हापशें वाठारांत 'दुर्गा' वाचन मंदिराची थापणूक केली. त्या काळांत हेर सुसंस्कृत आनी सुशिक्षीत गोंयकारांप्रमाण तोय गोंयच्या भौशीक चळवळिंनी वांटो घेतालो. ज्ञानप्रसारक संस्थेचे थापणुकेंत ताचो म्हत्वाचो वांटो आसलो. तशेंच म्हापशेंच्या वैश्य संस्थेंत ताणे मुखेलपणान वावर केल्लो. 1926 वर्सा गोंयांतल्या धारगळ वाठारांत जी वैश्य परिशद भरिल्ली, तिचो तो मुखेल कार्यवाह आसलो.

1954 च्या काळांत ताणे आपल्या घराण्याचो इतिहास आनी गोंयच्यो ग्रामसंस्था अशीं संशोधनात्मक दोन पुस्तकां बरयलीं. ह्या घराण्याच्या इतिहासाच्या पुस्तकांत ताच्या पुर्वजांचो वेपार युरोप तशेंच दक्षिण अमेरिके कडेन चलतालो आनी ताच्यो स्वताच्यो पातमाऱ्यो (जहाजां) आशिल्लीं, अशी ताच्या पुस्तकाचेर नोंद आसा. तेचप्रमाण म्हापशेचें ग्रामसंस्थेंत कुलाचारी नांवाचो अधिकार खलप घराण्याक आसलो,

अशेंय थंय नमूद केलां.

-सं.

**खलबतो :** बारीक पिठो करून घेवपाक वा झाड- पालो कुटून घेवपाक वापरता तो फातर आनी मील. हो खलबतो पाशाणी खडपा पसून तयार करतात. पूण हालींसरा पितूळ, स्टिला पसून हे खलबते तयार केल्ले मेळटात. हो आकारान चडांत चड 3 ते 6 इंच लांबायेचो आसता. सादारण एका मनशाच्या हातान तोलपा सारको आसता. हाका एक मील आसता. हें मील खलबत्याच्या लांबाये इतके खोल आनी रूंदायेन तितकेंच रूंद आसता. वेलचेचो पिठो बारीक करपाक, फुरफुरावन घेतिल्लीं सांसवां बारीक करून घेवपाक, तशें सुकीं फळां (बदाम, खाजूर आदी) कुटून घेवपाक, तेभायर आलें, लसूण, हींग हांचो लेप करून घेवपाक ह्या मिलांत घालतात. मिलांत घातिल्लें साहित्य बारीक वांटून वा कुटून घेवपा खातीर एक तोणी आसता. ती सादारण 4 ते 8 इंच लांबायेची आसता. ही तोणी सकयल्यान चड करून चेपटी, कांय वेळार वाटकुळीय आसता. सकयल्यान वयर वता आसतना ती अशीर जायत वता आनी तोंका कडचो भाग वाटकुळो, चेपटो वा त्रिकोणी जाता. हो भाग मुठींत धरून साहित्य कुटून घेवपाक उपेगी पडटा.



आदल्या काळार आयुर्वेदीक वखदां तयार करपाक खलबत्याचो उपेग करताले.

आयज घरगुती वखदां व्हडलिशीं कोण करिनात, म्हणून वखदां खातीर ताचो घरगुती वापर जायना. प्रयोग शाळांनी ल्हान प्रमाणांतलें पदार्थाचें कुटप, खलबत्यांत जाता. आयचे घडयेक आलें - लसणाची पेस्ट, वेलचेचो पिठो, सुक्या फळांचो पिठो करपाक खलबत्याचो कांय प्रमाणांत वापर जाता.

-सं. मं.

**खश्ट :** एक व्हड रूख. ह्या झाडाक फळां लागतात. तीं दिसपाक सिताफळां (आंतेर) सारकीं दिसतात. तांकां भितर सिताफळा भशेनूच बियो आसतात. ह्या फळाक 'खश्ट' अशें म्हणटात. हें फळ खावपाक बरें लागना. पूण ताच्या बियां पसून तेल काडटात. ताका खश्टेल म्हणटात. हें तेल दिवो लावपाक वापरतात. तशेंच तें वखदी आशिल्ल्यान खोरोज, नायटो जायत जाल्यार वापरतात. तें कुश्ट रोगाचेर बऱ्याक पडटा. आदल्या तेंपार गांवगिऱ्या वाठारांत दिव्या खातीर पॅत्रॉल (कॅरोसीन, घासलेट, रॉकेल आदि) मेळप खूब कठीण आसतालें. अशा वेळार घरांत दिव्यां खातीर खश्टेल, उंडेल, भिंडेल, खोबरेल

अशा घरगुती तेलांचोच चड उपेग जातालो.

खश्टां - बियांपासून खश्टेल तेल काडपाची एक गांवठी पद्दत आसा. ती अशी :

खश्टां पिकून तयार जाले उपरांत भितरल्यो बियो एकठांय करून वताक बऱ्यो सुकयतात. बियो बऱ्यो सुकले उपरांत दांड्यांनी वा बडयेन बडोवन सोलतात. भायलीं कल्लां काडून सुपान वारें करून वा पुडाक घालून बियो निगूत करून घेतात. गर वायनांत घालून मुसळांत कांडून बारीक कुडके करतात आनी मागीर तोपांत घालून शिजयतात. मागीर गरम आसतनाच रगड्यार ना जाल्यार फातरीर बारीक वांटून घेतात. हें सगळें वांटप एका मोट्याश्या तोपांत पातळ करून सांजेच्या आदेसाक उमाळो (खतखतो) येयसर शिजयतात. जें वांटण जालां तातूंत थोडें उदक घालतात. सकाळीं उठून तोपाचेर शेंकेल्ल्या तेलाची दाट साय दाटिल्ली आसता ती काडून घेतात. दोवल्यान, हालयनासतना तेलूय काडून घेवपाक जाता. कारण थंडी नासल्यार तेल शेंकेना. उदकाचेर वयर जमा जावन रावता. तें एका आयदनांत दवरतकच एक-दोन दिसांनी शेकोवन घट्ट जाता. मागीर ताचे हातान वळून गुळे करतात. अशेच तरेन जायत्या आकाराचे वा वजनाचे गुळे करून वताक सुकत दवरतात. उपरांत ते घट्ट जातात. आतां लायट, मिक्सर, घांसणें, बॉयलर आशिल्ल्यान हें काम खूब सोंपेपणीं करूं येतां.

'खश्ट' हो रूख कोंकणांत चड करून दोंगराच्या देंगणांनी पळोवंक मेळटा.

**उपेग :** खश्टाचो उपेग घरगुती, वखदी आनी धार्मीक कामांत जाता.

**घरगुती :** खश्टेल हें भिंडेला सारकेंच खावपाक वापरूं येता. खश्टेल लायिल्ली नाचण्याची भाकर रूचीक लागता. बाळंटिणिच्या कुडींत खश्टेलाच्या तेलाचो दिवो पेटोवन दवरल्यार त्या तेलाच्या वासाक लागून जळार, मुंबरो, किमसां लार्गी रावनात अशें म्हणटात.

खश्टिचें लाकूड बरें पूण तें ल्हव आसता. आदल्या काळार घरा खातीर लागपी पाटयो, कांबी खातीर ताचो वापर करताले.

**वखदी :** जाल्ल्या भुरग्याक तन्नें खश्ट झरोवन ताचो लेप सारोवन न्हाणयल्यार आंगाक पिठें फुटना. तेच प्रमाण भुरगें व्हड जातकच, पिठ्यान पांय फुटप, मुंबरां येवप जायना, अशें सांगतात.

गरमेच्या दिसांनी घाम चड येतकच मनशाच्या आंगार शिबां उजळून खूब त्रास जातात. आंगभर खाज पडटा. अशा वेळार खश्टेल लावचें. दिसभर शेतांत, भाटांत, कुळागरांत काम करपी मनशाच्या पायांच्या तळव्यांची आनी बोटांच्या तेमकांची चाळण जावन गाळशिरांतल्यान रगत व्हांवपाक लागता तेन्ना हाता-पायांक खश्टेल लावन, वायनांत इल्लें भातयेण पेटोवन ताच्या धुंवरान हाता-पायांक शेक दिवचो. अशें केल्ल्यान हाता-पायांक त्रास जायना. एकादे पुळयेचें चवन जावन पेखनासत जाल्यार कसल्याय वखदी झाडाचो पालो हाडून तो खेश्टेलान वांटून त्या चवनाचेर कवळ करून बांदचो. तो घावो ल्हव ल्हव बावून पेखून येता.

नव्या बैलाक जेन्ना पयलेच खेपे जोताक वा गाडयेक बांदतात तेन्ना मानेर जूं दवरले उपरांत ताचो खांदो (मान) घस्टता. जायते खेपे खांदो फुटून चामडी लोंबकळपाक लागता. अशा वेळार खश्टेल बरें चोळून लायल्यार गुणाक पडटा.

खतखतो काडिल्लें उदक वा च्या आंगार पडली आनी रोखडेंच खश्टेल.लायलें जाल्यार अजिबात फोड येना. तशेंच कसलोच तरेचो दाग लेगीत उरना.

आंगार खरोज वा मोटीं मोटीं चवनां जावन घाय पेखनासत जाल्यार केळिच्या बोणयांचीं सुकी पाती जळोवन ताचो गोबर खश्टेलांत कालोवन घायार लायल्यार बेगीन पेखतात आनी घायांच्यो मावो उरनात. जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांची बोमली झडल्या उपरांत जायते खेपे बोमलेचो घाय पेखनासत तर केळिचो सुको दांडारो लासून ताचो गोबर खेश्टेलांत कालोवन बोमलेक लायल्यार घाय पेखता. खंयचोय घाय भाजून काडपाचो

खूब म्हत्वाचो घटक ह्या खश्टेलांत आसता.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं योग्य जाणकाराचो सल्लो घेवंचो.

**धार्मीक** : देवळांनी तशेंच भटां ब्राह्मणांच्या घरांनी देवाकुडींत खश्टेलाचोय दिवो पेटोवन दवरताले. अशें केल्ल्यान वातीक काजुलो धरून दिवो पालवना. कांय कडेन दीस-रात अखंडपणान देवामुखार दिवो जळचो अशी प्रथा आसता. थंय खश्टेलाचो हो अखंडपणान जळपी गूण उपकारक पडटा.

- **सं. मं.**

**खसखस** : (मराठी खसखस, हिंदी : खसखस, गुजराती : खसखस, कन्नड : खसखस, संस्कृत : खसबीज, इंग्लीश : पॉपीसीड्स)

एक मसालो. खसखसीचें (अफुचें) झाड पांच-स फूट उंचायेचें आसता. हाचीं पानां सादीं पूण खरवती सारकीं आसतात. हाका तांबडीं, धवीं आनी जांबळ्या रंगाचीं फुलां फुलतात. हीं फुलां फुल्ल्या उपरांत तांकां बोंडे येतात. ह्या बोंडांत जी बी आसता तिका 'खसखस' म्हणटात.

ह्या झाडाक जीं फुलां फुलतात त्या फुलांचो देठ लांब आसता आनी ताका चार पाकळ्यो आसतात. ताच्या फळाक पोस्त वा बोंड म्हणटात. हें बोंड चिरतकच भितरल्यान रस भायर सरता तो सुकलो म्हणटकच ताका 'अफू' म्हणटात. अफू मादक आसता.

'ओपिअन' वा 'ओपॉस' ह्या ग्रीक उतराच्या अरबी 'अफिऊन' ह्या अपभ्रंशा वयल्यान 'अफू' वा 'अफिण' हें उतर आयलें आसूं येता. पूण संस्कतांत ताका 'अहिफेन' म्हणटात. भारतांत हाका 'पोस्त' आनी 'अफिमु' ह्या नांवांनी वळखतात.

संस्कृतांतलें उतर 'अहिफेन' म्हणजे जिवाण्याचें विख. जिवाण्यान चाबल्या उपरांत जे प्रमाण शरिराचेर परिणाम जाता तसोच परिणाम अफुचो चड प्रमाणांत सेवन केल्यार जाता. म्हणून अहिफेन, नागफेन, भुजंगफेन अशीं ताका नांवां आसात.

**उपेग** : मसालो तयार करतना खसखसाचो उपेग मुखेलपणान जाता. तन्या खसखशीच्या पाल्याची भाजी करतात. अफुची मुळावी क्रिया उत्तेजक आसता आनी उपरांतच्या स्थितींत ती शरिरांतली पिडा शमन करून न्हीद (गुंगी) हाडटा. चड प्रमाणांत घेतिल्ली अफू अपायकारक आसता.

खसखशीपसून तेल काडटात. हे तेल खावपाक आनी जळोवपाकूय वापरतात. खसखस जितली ताजी आसता, तितलें तेल बरें मेळटा. हें तेल वतांत दवरल्यार धवें, पारदर्शी आनी रूचीक जाता. हें तेल तकलेक चोळल्यार न्हीद बरी पडटा आनी मेंदूय शांत जाता. रंग तयार करपाक ह्याच तेलाचो उपेग करतात. युरोपांत चित्रकाराचे रंग ह्याच तेलापसून तयार करतात. खसखशीची पेंड ताजी आसतना ती गोरवंक घालतात. ती रूचीन गोड तशीच पुश्टीकय आसता. म्हणून ही पेंड गाय-म्हशींक खावपाक घालतात.

गायच्या दुदांत बदामाचो गर आनी खसखस घालून, दूद आटोवन खीर करूं येता. तशेंच ल्हान भुरग्यांक ही खसखस बारीक वांटून ती गायच्या दुदांत घालून तातूंत इल्लें गॉड घालून वा खडीसाकर घालून कापां करूं येतात.

सांदे दुखल्यार खसखशीच्या बोंडाचो काडो काडून एक-दोन वरां शेक दिवचो. सूज आनी पोट फुगीचेर खसखशीची फुलां आनी बोंडे उदकांत घालून उदक बरें सळसळावन घेवचें. खतखतो आयिल्ल्या उदकाचो बरो शेक दिवचो. हारिचें जालां आसत तर खसखशीचें तेल खोबरेल तेला बरोबर आंगाक चोळचें.

वयले वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो जरूर घेवचो.

अफू ह्या मादक पदार्थाचो वापर मुखेलपणान दोन कडेन जाता. ताच्या पिडा-शमनाच्या गुणाक लागून ताचो न्हीद हाडपी वखदां खातीर वापर जाता. आनी ताच्या मादकपणाच्या गुणा खातीर नशा हाडपी व्यसन म्हणून ताचें सेवन जाता.

अफू ही भलायकेक घातक आशिल्ल्यान अफू सेवन भारत धरून चडश्या देशांनी बेकायदेशीर मानलां. हेर उपेगां खातीर अफुची (खसखसीचीं) लागवड करपाक लेगीत सरकारी निर्बंध आनी नियंत्रण आसात.

-सं. मं

**खळ :1.** गंवाचें पीठ शिजोवन केल्लें गम. वाटीभर गंवाच्या पिठांत दोन पेले उदक घालून तें पीठ कुलेरान घोळोवन घेतकच एका तोपांत चुलीर दवरून ताका खरखतो ये म्हणसर शिजयता. खतखतो येतकच तें कुलेरान ढवळून जातकच चुली वयल्यान सकयल दवरता. न्हिवतां न्हिवतां तें पीठ गलगलीत जाता. गंवांच्या पिठांत आशिल्ली चिकटसाण आनी ताका मेळिल्ली उदकाची साथ मेळून पिठाक गमासारकी चिकटसाण येता.

आदल्या तेंपार दिवाळेचो आकाश दिवो, चवथीचें मखर, सोबेचीं बोंदेरां (पताको), रथाच्यो गुडयो वा पतंग तयार करतांना तांच्यो फोली दसोवपाक गंवाचे खळिचो गम म्हणून उपेग जातालो. आदल्या तेंपार घराचे वणटीक शेडिचो (रंगीत मातयेचो) रंग काडटाना वा चुन्यान वणत सारयताना (रंगयताना) हो रंग वण्टी वयल्यान झडचो न्ही म्हणून तातूंत खळ घालताले. खळिचे चिकटसाणीक लागून हो रंग वण्टीक दसून रावतालो.

आतां वेगवेगळ्या प्रकाराचे रेडीमेड गम आयिल्ल्यान, गंवाचे खळिचो वापर सर्रासपणान जायना आसलो तरी गांवगिऱ्या वाठारांनी आजूनय तिचो खंय खंय वापर जाल्लो दिसता.

- सं.

**खळ :2.** आंब्याचीं तोरां (आंबल्यो), आंब्याचो मोसम सोंपल्या उपरांतय खावपाक मेळचीं म्हून तांकां मिठाच्या उदकांत खारावन (बुडोवन) दवरता. ह्या मिठाच्या उदकाक खळ म्हणटात आनी तातूंतल्यान तोरांक खळांतली तोरां वा खळांतल्यो आंबल्यो म्हणटात.

आंब्याचो मोसम सोंपल्या उपरांतय आंब्याचीं तोरां खावंक मेळचीं म्हणून तांचो पुरूमेंत करून दवरपाच्या उद्देशान तोरांचे थराचेर थर करून दवरतात. दोन थरांमदीं मीठ घालतात. वयल्या थराचेर दात्याची पाव वा कुपादरिचे वजन आशिल्ले फातर दवरतात. एक दोन दीस वजनापोंदा आशिल्ल्या तोरांतल्या आंगातले उदक भायर सरले उपरांत तीं तोरां मातयेच्या बुयावांत (आयदनांत) वा खासा कोरांतून घेतिल्ल्या लाकडाच्या दोणांत (आयदनांत) दवरतात. तोरांच्या आंगांतलो दीख आनी मिठाचें उदक मेळून जाल्लो खळ तोरां खातीर राखणदार जावन तोरां कुसूंक दिना. मेथयो, मिरसांगो, हींग अशे पदार्थ खळांत घालून खळाक आनी पर्यायान तोरांक आगळी रूच हाडपय जाता. अशे तरेन खळांत घाल्लीं तोरां, खळाच्या राखणदारी गुणांक लागून वर्सभर खावंक मेळटात. तोरां प्रमाणेच तन्नी काण्णां, तन्ने आंबाडेय खळांत घालतात. खळांतली तोरां तशें आंबाडें आनी काण्णां जेवणार जोड तोंडाक म्हणून खातात.

**पुरक नोंद : आंबो : खळांतली आंबली**

-सं.

**खळ : 3.** नुस्तें उदकांतल्यान भायर काडलें म्हणटकच ताच्या नाका तोंडांतल्यान तशें हेर आंगांतल्यान एक हिंवसाण आशिल्लो पातळ द्रव पाझरता. ह्या द्रवाक नुस्त्या खळ म्हणटा. नुस्त्याप्रमाणेच नुस्त्याचो खळय एक सारें कशें भाजीपाल्याच्या झाडां-वेलीं खातीर वापरतात. नुस्त्या खळ हो एकेतरेचें घाण द्रव जाल्ल्यान खंयच्याय घाण उदका पसून जावपी संसर्ग ह्या खळा पसूनय जावं येता.

-सं.

**खळें : पळयात → आंगण**

**खाजकुली : (खाजोटी, खाजकोलती) :** (मराठी - कवच, खाजकुइरी, हिंदी - गोंचा, गुजराती - किंवच, कन्नड - कडवरे, हसगुणी, संस्कृत - तीक्ष्णा, वनारी, आत्मगुप्ता, इंग्लीश - कौहेज, कोविज, हॉर्सआय बीन, लॅटिन - म्युक्यूना प्रूरिएन्स, कुललेग्युमिनोजी)

ही एक वाल. ती रानांनी तशेंच शेताच्या कडेर किल्लता. तिच्या पानां-शेंगांक खाज हाडपी गूण आशिल्ल्यान तिका हें नांव पडलां. तिची पानां संयुक्त तशेंच त्रिदलांचीं ल्हंवेचीं (केंसाळ) आसतात. नोव्हेंबर म्हयन्यात लांबट कशीं, तशेंच पतंगाच्या आकाराचीं जांबळ्या रंगाचीं आनी मध्यम आकाराचीं फुलां येतात. ताच्यो शेंगो दोनी तोकांनी वाकिल्ल्यो आनी गोल कश्यो आसून तांचेर दाट अशी बारीक ल्हंव (केंस) आसता. हे केंस आंगाक लागल्यार ताची खाज खूब वेळ मेरेन आसता. त्यां शेंग्याच्यो बियो बारीक आनी 5-6 अश्यो आसतात.

ह्या वनस्पतीचीं मुळां वखदी आसून, ह्या मुळांचो काडो पियेल्ल्यान मूत निवळ जावपाक मदत जाता. बियांची पूड आंगार जावपी धव्याक तशेंच शीघ्र वीर्य स्खलन हाचेर गुणकारी आसा.

आंगाक खाज हाडपी खाजकुली सारकीच पूण झोपाच्या रुपांतली आनीक एक वनस्पत कोंकणांत मेळटा. हिचीं पानां बदामा आकाराचीं पूण फुटिल्लीं आनी दातयाळीं आसतात. फळां काळीं आनी चेपटीं आसतात. जोर, तकली फोंड तशेंच सुजीक हाच्या पानांचो उपेग करतात. वखदी उपेग करचे पयलीं जाणकाराचो सल्लो घेवप गरजेचें आसा.

-सं. मं.

**खाजन :** न्हंयचे देगेक बांद घालून तयार केल्ली जमीन. न्हंयच्या उदका वांगडा, विशेश करून भरतेच्या वेळार आयिल्लो गाळ, न्हंयचे देगेक सांचत रावता. बरोच काळ असो सांचत राविल्लो



गाळ थंयच्या थंय घट जावन ताका उंचाय मेळत रावता. सुकतेच्या वेळार हो गाळ एका व्हड राशिच्या रुपांत न्हंयचे देगेक तयार जाता. ताची उंचाय इतकी वाडटा की भरते वेळारय ताचो माथो उदका वयर उरता. गाळावरवीं तयार जाल्ल्या ह्या भूंय भागाक खाजन म्हणटा.

दयदिग आनी तिका लागिचो मूळ भूंय भाग हाचे मदीं नव्यान निर्माण जाल्ली ही खाजन जमीन न्हंयचे देगेरे बांद घालून तिका आडावन दवरता. मूळ जमीन आनी न्हंयची देग हांचे मदीं तयार जाल्लें हें जमनींत भात शेती करतात आनी थंयच्या उदकांत नुस्तें पिकयतात. कांय कडेन थंय मिठागरां तयार करून मीठ पिकयतात.

खाजनांतल्यान न्हयचें उदक भितर भायर करपाची वेवस्था बांदांत मानस घालून करता. ही मानस म्हणजे बांदाक चर मारून, चरा मदीं धांपपी - उक्ती जावपी दारां आशिल्ली वेवस्था. गरजेपरस खाजनांत चड उदक जालें तर मानशेचीं दारां उक्तीं करून तें उदक खाजना भायर न्हंयचे देगेंत सोडप जाता. अशें करताना मानशेंतल्यार भायर सरपी उदका - लोटाक जाळ लायतात. खाजनांतल्या उदकांतलें नुस्तें उदका लोटा वांगडा भायर सरतांना ह्या जाळांत सांपडटात.

खाजनांत दोन तीन वर्सां भाताचें पीक काडले उपरांत एक वर्स खाजनांतली शेताची जमीन उदकांत बुडोवन दवरता. त्या वर्सा थंय भात पिकयनात. ताचे सुवातेर नुस्तें पिकयतात. ताका खाणें म्हणटात. हाका लागून दोन फायदे जातात : एक वर्स खंड पडिल्ल्यान जमनिचो कस सुदारपाक मदत जाता. खाण्यावरवीं मेळपी रक्कम खाजन-वेवस्थापनाचेर खर्च करपाक मेळटा.

भात-शेती करप, खाजना बांदाची देखरेख पळोवप, बांदाक पडिल्लीं खावटीं (बुराक) पुरोवप, मानस चलोवप, खाणे मारप अशीं कामां खाजन रोवपी शेतकाऱ्यांचे समितीवरवीं चलतात. हे समितीचें काम सहकारी समितीचे धर्तेर चलता. चडशीं कामां शेतकार स्वताच करतात.

मानस चलोवप आनी खाणे मारप हांची पावणी करून शेतकार समितीच्या वांगड्यां भितरच ती पावणी दिवप आदल्या काळांत जातालें. पावणेंतल्यान आयिल्ली रक्कम खाजनाचें वेवस्थापन, बांद बांदणी, मानस बांदणी सारकिल्ल्या कामाचेर खर्च जाताली. सद्याक ही पावणी गोंय राज्य प्रशासनाच्या मामलेदारावरवीं जाता. आनी थंय खाजन - समितीच्या वांगड्यांक पावणी व्हरपाचो अग्रहक्क आसता.

सध्याक चडशीं खाजन-जमीन एक तर पडींग अवस्थेंत आसा नाजाल्यार तिचें रूपांतर कायम स्वरूपी खाणे मारपांत केल्लें आसा. भातापरस नुस्त्याचें मोल चड जाल्ल्यान लोक भातापरस नुस्तें पिकोवप पसंत करतात. हाका लागून न्हंयतले कुमेरी शेती पद्दती सारकीच खाजन शेती -पद्दत ल्हव ल्हव करून नश्ट जायत आसा.

-सं.

**खाजूर :** एक खावपाचें फळ. ह्या फळाक खाजरा-बोय म्हणटात. खाजूर हें फळ कोंकणांत जायना आसलें तरी ताचो उपेग हांगा व्हड प्रमाणांत जाता. खाजूर आनी तो सुकोवन केल्ल्यो सारको दोनायचो उपेग कोंकणांतले लोक खाणा खातीर आनी



वैजकी उपचारा खातीर करतात. खाजरांत अ, ब, आनी ड हीं जीवनसत्वां आशिल्ल्यान तो निखटो खातात वा कसल्याच खाणांत घालून खातात. थंडी जाल्यार ताचो कसाय करून घेतात. खाजूर आनी खारको हें पुश्टीक अन्न जाल्ल्यान बाळंत जाल्ले बायलेचे कुडीक घटसाण येवचे खातीर तें तिका दितात. आतां खाजूर घालून केक, हालवो आनी हेर मिठाय करतात. खाजूर घालून केल्ली आईस्क्रीमय आतां बाजारांत आयल्या.

जंय खाजराची लागवड करतात त्या प्रदेशांनी (सिंध) खाजराच्या झाडापासून ताडी तयार करतात. खाजराच्या बियांपासून मेळपी तेलाचो उपेग इराकांत शाबू करपाक जाता. हेर कडेन बियां पासून जनावरांची खावड तयार करतात आनी पानापासून शेंदऱ्यो तयार करतात.

-सं. मं.

**खाजें (काडयो बोडयो) :** एक सुकें गोड खाण. चण्या दाळिच्या पिठाच्यो काडयो उकळट्या तेलांत तळून काडटात. उपरांत त्यो गॉड वा साकरेच्या पाकांत बुडोवन कलशितात. रुची खातीर धाडायल्लें आलें आनी धव्यो तिळयो ह्या पाकांत भरशितात.

चण्या दाळिचें पीठ उदकांत कालोवन ताचे गुळे करून ते शेवग्यांत घालून ताच्यो काडयो बोडयो करतात.



खाज्या मांड

ह्यो काडयो-बोडयो तेलांत तळून उपरांत आलें, धव्यो तिळयो घालून केल्ल्या गॉडाच्या वा साकरेच्या पाकांत कलशितात. पाक सुकलो म्हणटकच खाज्या-बोयो (काडयो) तयार जाता. गॉडाच्या पाकांत कलसून केल्ल्या खाज्याक गॉडा - खाजें आनी साकरेच्या पाकांत कलसून केल्ल्या खाज्याक साकरे खाजें म्हणटात. पाकांत घातिल्ल्या आल्याक लागून खाज्याक गोडसाणी वांगडा तिखसाणीचीय रूच येता.

खाजें ह्या कोंकणांतल्या पारंपारीक खाणाचो आनी जात्रा-फेस्तांचो लागिचो संबंद आसा. खाजें हो खाण



खाज्या बोयो

प्रकार फकत जात्रा फेस्तांतल्यान खाशेल्या मांडांचेर मेळटा. हरशीं खंय हो खाण प्रकार करिनात आनी विकिनात. जात्रा फेस्ताक गेल्लो भावीक देवा पाया कडचें खाण म्हणून घरा वतना थोडें तरी खाजें घरा व्हरता आनी घरच्यांक, सोयऱ्या धायऱ्यांक, इश्ट-मित्रांक देवाचो प्रसाद हे भावनेन दिता. ही प्रथा आयज लेगीत चलिल्ली दिसता.

खाजें करून विकपाचो वेवसाय करतल्याक खाजेकार म्हणटात. जात्रा-फेस्ताचे फेरयेक आपलो मांड घालून खाजेकार खाजें विकता. ह्या मांडार फाटले वटेन खाजें तयार करतात आनी फुडले वटेनचे नाबीर खाज्याची विक्री करतात.

खाज्याच्या मांडार खाजें हें मुखेल खाण आसलें तरी खाज्या वांगडा रेवड्यो, लाडू, कापा, साकरिच्यो घुमट्यो - बावल्यो हींय खाणां विक्रेक दवतात.

गोंय सरकारान 2009 सावन खाजेकार, चणेकार अशा पारंपारीक वेवसायिकां खातीर तांच्या वेवसायाक पुरक अशी आर्थीक पालव दिवपाची येवजण चालीक लायल्या.

खाजें करप हो पारंपारीक वेवसाय आसून थारावीक घराबे हो वेवसाय परंपरेन करीत आसात.

-सं.

**खाडी :** दर्याचे देगे भितर रिगिल्लो दर्याचो फांटो. हो फांटो चड रूंद वा चड अशीर, चड खोल वा चड उथळ नासता. तर मध्यम प्रमाणांतल्या आकाराचो आसता. दर्या देगे कडल्या सकयल वाठारांत, दर्याचें उदक दर्या देग व्हांळून पसरता आनी कालांतरान ताका कायम दर्या उदका सांठ्याचें अस्तित्व प्राप्त जाता. नुस्तेंमारी आनी भरतेच्या वेळार व्हड्यां - येरादारी करपा इतली ताका क्षमता प्राप्त जाता. कांय वेळां मुखेल न्हंय वा फांटो (उप न्हंय) जंय दर्याक येवन मेळटा थंयसून दर्याचें उदक पावता थंय मेरेन न्हंयच्या भितरल्या वाठाराक खाडी म्हणटात. जंय न्हंय

दर्याक मेळटा थंय खाडिचें मूख (तोंड) म्हणटात. व्हड खाडिंनी नुस्तेंमारी आनी व्हड्यां येरादारी वांगडाच माल चडय देंववपा खातीर बंदरांय निर्माण जाल्लीं आसात. कोंकणांतलीं दाभोळ, मुरूड, बाणकोट, जयगड सारकीं ल्हान-व्हड बंदरां हीं अशीं खाडी वयलीं बंदरां आसात.

कोंकणांतल्या चडश्या खाडयांक घाट-दोंगरांतल्यान देवपी झऱ्यांच्या गोड उदकाची तशी पावशी उदकाची सातत्यान पुरवण जाता आशिल्ल्यान खाडिच्या मुखाकडचो थारावीक वाठार सोडलो तर दुसऱ्या तोंका सावन मुखाक लागीं पाव मेरेन व्हडल्या वाठारांत गोड्या (साव्या) उदकाचो सांठो उपलब्ध जाता. हाचो उपेग गोड्या उदका - नुस्तेमारी खातीर तशें खाडी-देगेक बांद घालून, बांदा भितर सावन मुखेल जमनी मेरेन खाजन-शेती करून भात उत्पन्न करपा खातीर जाता. खाजन-शेतीच्या वापराक लागपी ह्या गोड्या (साव्या) उदकाच्या पुरवणेचें नियंत्रण, बांदाक घातिल्ली मानस (खाजनांतलें उदक गरजेप्रमाण भायर-भितर घेवपाची मानव निर्मित यंत्रणा) ह्या बांधकामावरवीं जाता. खाजनांतल्या उदकांत पिकपी नुस्त्यांक धरपाकय हे मानशेचो वापर करतात.

**पुरक नोंद : (1) खाजन (2) मानस - 1**

**-सं.**



**खाडूं:** खापां करूंक नाशिल्ल्या माडार चडपाक वापरपाचें साधन. खापां नाशिल्ल्या माडाचेर चडटांना, माडार पांय थीर उरपाक सुंबाचे दोरयेचें कोंडाळें करून आनी तातूंत माडार चडटल्याचे (पाडेल्याचे) दोनय पांय घालून, माडार चडपी दोनय हाताची कोयंडी (कोयणी) माडाक घालून उडक्या-उडक्यांनी माडार चडटा. हाताचे कोयंडेचेर भार घालून खाडूंतले दोनय पाय एका वांगडा वयर घेतले उपरातं आनी पायांनी माडाची पकड घेतकच परतून हात उबारून पयलीं परस वयले सुवातेर हाताची कोयंडी, उपरांत खाडू सयत दोनय पायांची वयर उखलणी अशें प्रक्रियेंतल्यान चडपी माडाच्या चुडटां मेरेन चडटा. उपरांत चुडटांक धरून माडाच्या कवाळ्यांत वचून घटमूट चुडटांच्या माथ्यार बसून नाल्ल पाडप करता. कांय पाडेली पायां वांगडा हाताकय खाडूं घालतात. सकयल देवतांना पर्थून, उलटे दिकेन (खालचे दिकेन) हाताची कोयंडी आनी खाडूंतल्या पायांची पकड करून माडा वयल्यान जमनीर देंवता.

सुरीक लायिल्ल्या माडांक चडपा देवपा खातीर खापां मारता आशिल्ल्यान, सूर काडपी रेंदेर खाडुंचो वापर करिना. खापां आशिल्ल्या माडार चडपाक पाडेली मात खापां वांगडा, चड जतनाय घेवपा खातीर, खाडूंचोय वापर करता. आधुनीक काळांत माडार चडपा-देवपा

त्रातीर एक यांत्रीक साधन तयार केलां. ह्या साधनावरवीं त्रापां वा खाडूं नासताना माडार चडप-देवप सोपेपणी नाता. पूण अश्या यांत्रीक साधनाचो व्हडलोसो वापर नाल्लो दिसना, आनी खाडू ही चडपा - देवपाची ारंपारिक पद्दतच चड वापरांत आसा.

माडार चडप - देंवप हें जोखमीचें काम जाल्ल्यान नगळ्यांकच तें जमना. जे परंपरेन हें काम करीत आयल्यात तांचो आंकडो आतां उणो जाला. नवे पिळगेक एक तर हें काम जमना. दुसरें म्हणजे तांच्या मनाक तें नानवना. ते खातीर माड पाडपी पाडेली मेळप आतां भोवच कठीण जालां.

ह्या वेवसायाक उत्तेजन मेळपाच्या उद्देशान पाडेल्यांक सरकारी आर्थीक मजत करपाचो विचार चालू आसा. तशेंच पाडेलीपणाचें प्रशिक्षण नवे पिळगेक दिवपाचीय येवजण विचारांत आसा.

-सं.

**खांडेकर, विष्णू सखाराम :** (जल्म : 11 जानेवारी 1898, सांगली), (**मरण : 2 सप्टेंबर** 1976, कोल्हापूर).

कोंकणांतलो मराठींतलो नामनेचो कादंबरीकार, कथाकार, लघुनिबंदकार आनी समीक्षक. ताचें मुळावें शिकप सांगली हांगा आनी ते उपरांत इंटर आर्टसमेरेन पुणे हांगा जालें. अठरा वर्सां पिरायेचो आसतना ताच्या चुलत बापांलयान ताका पोसूंक घेतिल्लो. 1920त तो शिरोडा (ता. वेंगुर्ले) हांगाच्या ट्युटोरिअल इंग्लीश स्कुलांत सुरवेक शिक्षक आनी उपरांत तेच शाळेंत मुख्याध्यापक जालो. 1938त तो हे शाळेंतल्यान निवृत्त जालो. आनी उपरांत कोल्हापूर हांगा रावपाक गेलो. ताची कर्मभूंय तशी लेखन भूंय मुखेलपणान कोंकण आसली. 1919 वर्सा सावन ताचें बरप उजवाडाक येवपाक लागलें. ताणें 'कुमार' ह्या टोपण नांवांन कविता बरयल्यो आनी 'आदर्श' ह्या टोपण नांवांन विनोदी बरप केलें. ताची पयली लघुकथा 'घर कुणाचे' 1923 वर्सा 'महाराष्ट्र साहित्य' नांवांच्या म्हयन्याळ्यांत उजवाडाक आयली.

'नवमल्लिका' (1929) हो ताचो पयलो कथा झेलो जाल्यार 'हृदयाची हाक' (1930) ही ताची पयली



कादंबरी आनी 'वायुलहरी' (1930) हो ताचो पयलो लघुनिबंद संग्रह.

खांडेकरान विंगड विंगड स्वरूपाचें बरोवप केल्लें आसून, तातूंत 15 कादंबऱ्यो, 31 लघुकथा संग्रह, 10 लघुनिबंद संग्रह, 6 रूपककथा संग्रह, 1 नाटक हांचो आसपाव जाता. ते भायर ताणें कांय चरित्रात्मक, समिक्षात्मक ग्रंथ आनी कांय संकीर्ण लेख संग्रह बरयले. ताणें मराठी, हिंदी आनी तेलगू चित्रपटां खातीर वट्ट 18 पटकथा बरयल्यो.

तोखणायेक पात्र थारिल्ल्यो ताच्यो कांय खाशेल्यो साहित्यकृती अश्यो आसात :

कथां झेले : 'नवमल्लिका', 'पाकळ्या' (1939), 'समाधीवरली फुले' (1939), 'नवा प्रात:काल' (1939).

कादंबऱ्यो : 'हृदयाची हाक', 'कांचनमृग' (1931), 'दोन ध्रुव' (1934), 'उल्का' (1934), 'दोन मने' (1938), 'पांढरे ढग' (1939), 'रिकामा देव्हारा', 'सुखाचा शोध', 'हिरवा चाफा' (1939), 'पहिले प्रेम' (1940), 'क्रौंचवध' (1942), 'अश्रू' (1954), 'ययाति' (1959), 'अमृतवेल' (1967), 'सोनेरी स्वप्ने भंगलेली' (1977).

रूपक कथां झेले : 'कलिका' (1943), 'सुवर्णकण' (अणकारीत) (1944), 'वनदेवता' (1960).

लघुनिबंद संग्रह : 'वायुलहरी', 'अविनाश' (1941), 'तिसरा प्रहर' (1948), 'मंझधार' (1959), 'झिमझिम' (1961).

चरित्रात्मक आनी समिक्षात्मक बरप : 'गडकरी - व्यक्ती आणि कार्य' (1932), 'वामन मल्हार जोशी - व्यक्ती आणि विचार' (1948), 'केशवसुत : काव्य आणि कला' (1959).

टिकात्मक लेख आनी संकीर्ण बरप : 'मराठीचा नाट्यसंसार' (1945), 'गोफ आणि गोफण' (1946), 'रंग आणि गंध' (1962), 'ते दिवस, ती माणसे' (1961), 'रेषा आणि रंग' (1961). हे भायर 'छाया' (1936), 'ज्वाला' (1937), 'देवता' (1938), 'सुखाचा शोध' (1939) ह्या सिनेमांच्यो पटकथा ताणें बरयल्यात. ताच्या खुबश्या कादंबऱ्यांचो गुजराती, तामिळ आनी हिंदी ह्या भारतीय भासांनी अणकार जाला. तशेंच ताच्या काणयांचो अणकार इंग्लीश, रशियन आनी चेक ह्या विदेशी भासांनी जाला.

जिणे खातीर कला आसा, ह्या तत्वाचेर चलयल्ल्या 'जोत्स्ना' ह्या म्हयन्याळ्याचो तो संपादक आशिल्लो. 1961त, 'ययाति' हे ताचे कादंबरीक महाराष्ट्र सरकाराचें कादंबरी माळेंतलें पयलें इनाम फाव जालें. 'ययाति' कादंबरीक साहित्य अकादमीचोय पुरस्कार फाव जालो. ताचे हेच कादंबरीक 1974-75 वर्सा भारतीय ज्ञानपीठ हो मानाचो पुरस्कार फाव जालो. 1941त सोलापूर हांगा भरिल्ल्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाच्या रूप्यामहोत्सवी अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो. 1957त मराठी नाट्यसंमेलनाचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो. 1968त भारत सरकारान 'पद्मभूषण' हो किताब दिवन ताच्या वावराची तोखणाय केली. 1970त साहित्य अकादमीचो फेलो म्हूण ताची नेमणूक जाली.

ताच्या बरपाचेर आगरकर, केशवसूत, हरिभाऊ आपटे, श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकर हांच्या बरपांचो खुबसो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. आपल्या बरपांत ताणें मनीस जीणेक खूब म्हत्व दिलें. जीणेंतले श्रद्धेचें महत्व ताणें स्वच्छंदतावादी (रोमॅण्टीक) विचारां वरवीं परगटायलें. मनीस जीणेंतलो ध्येयवाद, सुख-दुख्ख आनी भावनांचे उत्फरके हांचें दर्शन ताचे बरपावळींत जळींमळीं घडटा. ताची भाशाशैली अलंकारीक आनी सुभाषितांनी भरिल्ली आसा. मराठी कथेंत ताणें नवे प्रयोग केले आनी ती कथा उंचेल्या पांवड्यार पावयली. साहित्या खातीर समर्पीत भावनेन वावर करपी एक श्रेश्ठ साहित्यीक म्हूण खांडेकरांचें नांव घेतात.

- **सं. मं.**

**खाणावळ :** पयशे घेवन खाण-जेवण दिवपाची वेवस्था आशिल्लें घर.

आतांच्या हॉटेल-रेस्टॉरंटाची आदली अवस्था. हिका पयलीं 'ब्राह्मणी' अशें म्हणटाले. आदल्या काळांत फकत ब्राह्मण लोकच अशी जेवणाची वेवस्था करूंक शकताले. कारण ब्राह्मणेतर लोकांनी केल्लें खाण जेवण सगळ्यांक (ब्राह्मण आनी हेर ब्राह्मणेतरांक) चल नासलें. ब्राह्मणान केल्लें जेवण मात सगळ्यांक (ब्राह्मणांक तशें ब्राह्मणे तरांक) चलतालें. आदल्या काळार खाणावळिंनी जेवण जमनीर, केळीच्या पानार वाडटाले आनी लोक पायतणां काडून उक्त्या पायांनी पाटार बसून जेवताले.

ादिवेळार खाणावळी ब्राह्मण चलयताले आशिल्ल्यान ंय फकत शाकाहारीच जेवण मेळटालें.

आदल्या काळांत चडशे लोक आपले राबित्याचे ुवातेपासून चड पयस वचनासले. भायर सरले तर ानपारां मेरेन वा सांज मेरेन घरा कडेन जेवणाक पावताले. ायस वचचेंच पडलें तर दनपार-रातच्या जेवणाक ागिच्या सोयऱ्या-इश्टा कडेन मुक्काम करताले वा घरा ाडसून भायर सरतांना भुती (पोवलेंत वा केळी पानांत ांदून घेतिल्लें जेवण) वा जेवणाचो डबो घेवन भायर ारताले. (जेवणाचो डबो ही पद्दत आयजय अस्तित्वांत आसा)

कांय गिरेस्त घराण्यांनी दनपारचें जेवण मोफत दिवपाची परंपरा आसली. हे परंपरेचो लाव घेवपीय तेवेळार आसले. अशे फांटभुयेर जेवणाची विक्री करपी खाणावळी पयलीं केन्ना आनी खंयचे परिस्थितींत अस्तित्वांत आयल्यो तेसंबंदी काय अनुमानां काडूं येतात तीं अशीं : शारीकरणाची प्रक्रिया सुरू जातकच म्हालांतल्या शारांत वेपार आनी प्रशासनाचीं केंद्रां सुरू जाल्ल्यान, लोकांक आपल्या गावांतल्यान थंय वचचें पडलां आसूं येता. तेन्ना येरादारीची आयच्या इतकी सुलभ वेवस्था नाशिल्ल्यान शारांतलें काम सोंपोवन जेवणाक घरा परतुपाचें शक्य जाय नासलें आसूं येता. आदल्या काळांत तशें आतां अशी वेवस्था दिवपी हॉटेलां आनी रेस्टॉरंटां शारांत चड प्रमाणांत दिसता. कामाच्या व्यापांत वाढ, वैयक्तीक तशें सामाजीक दर्जाची जाणीव आनी एकंदर सामाजीक बदल हांचो परिणाम म्हणून आनी तातूंतली गैरसोय म्हणून घरच्यान भुती, डबो व्हरपाची असहायता निर्माण जाली आसूं येता. हातुंतल्यान आदीं वयल्या सामाजीक, आर्थीक थरांतल्या लोकांनीं आपल्या थरांतल्या लोकां खातीर खाणावळी सुरू केल्ल्यो आसूं येता.

आदल्या खाणावळिंचो अभ्यास केलो तर ह्यो खाणावळी चलोवपी (मालक) तशे तांचो वापर करपी (जेवपी) हे वयल्या सामाजीक, आर्थीक थरांतले लोक आसले म्हणपाचें समजता. जशे सामाजीक, आर्थीक बदल जायत गेले, तशें सकयल्या थरांतल्या लोकां मेरेन खाणावळिंची पद्दत पावली म्हणपाचें दिसता.

आयच्या काळांत पाटार बसून, केळी-पानार जेवणाच्यो, आदले घरगुती पद्दतीच्यो, खाणावळी मेळनात. तरीय कर्नाटक आनी केरळ वाठारांतल्या कांय हॉटेलांनी मेजाचेर केळी-पानांचेर जेवण दिवपाची पद्दत चालू आसा.

खाणावळिंनी वचपाक जमना वा वचपाक नाकां तांचे खातीर आतां कार्यालय-पोंच जेवणाचे डबे दिवपाची वेवस्था निर्माण जाल्या. एक तर हे डबे खाणावळींतल्यान नाजाल्यार कर्मचाऱ्यांच्या घरा कडल्यान कार्यालयांत पावप जाता. हे वेवस्थेंत जेवणाचे वेगळे आनी जेवण पावोवपाचे वेगळे अशे पयशे घेवप जाता. मुंबय ह्या शारांत घरा कडल्यान कार्यालयांत जेवणा-डबे पावोवपाची एक अधिकृत अशी डबेवाल्यांची संघटना तयार जाल्या आनी तिणें आपले कुशळ, प्रामाणीक कार्यपद्दतीन एक बरी देख घालून दिल्या. भारत भेटिच्या वेळार इंग्लंडाच्या राजकुंवरान मुंबयच्या डबेवाल्यांची मुद्दम भेट घेवन हे कार्यपद्दती संबंदी म्हायती करून घेतली.

-सं.

**खाणें : पळयात → खाजन**

**खान बहादूर हाजी अब्दुल्ला :** (जल्म :1882, मरण: 12 ऑगस्ट 1935, उडुपी-कर्नाटक).

कर्नाटकांतलो एक नामनेचो उद्देजक आनी कॉर्पोरेशन बँकेचो संस्थापक. ताचें पुराय नाव खान बहाद्दूर हाजी अब्दुल्ला हाजी कासीम साहेब बहाद्दूर. ताच्या बापायचें नांव हाजी कासीम हाजी बुडण साहेब. ताचें घराणें दख्खन मुस्लीमाचें आसून ताचे पुर्वज दख्खनच्यान दक्षिण कन्नडांत स्थायीक जाल्ले. ताचो बापूय गिरेस्त



जमीनदार आसलो. अब्दुल्लाचो सुको मेवो, सुकें नुस्तें, फस्कां-वितरण आनी शेतीचो वेवसाय आसलो. सुको मेवो अरेबिया सावन आयात जातालो.

अब्दुल्लाचें एस एस एलसी मेरेन शिकप जाल्लें. ताचें वाचन खूप आसलें. ताका हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगिताची आवड आसली. तो टेनीस खेळ खेळटालो.

अब्दुल्लाचें जिणेंतलें एक नाव उरपा सारकें योगदान म्हणजे ताणें फुडाकार घेवन सुरू केल्ली आनी आयज व्हड नावारूपाक पाविल्ली कॉर्पोरेशन बँक. हे बँकेची सुरवात कॅनरा बँकींग कॉर्पोरेशन (उडुपी) लिमिटेड ह्या नांवान आदीं 16 मार्च1906 दिसा जाली. त्या काळांतली तुळूनाडांतली अशे तरेचीं ही पयली बँक आसली. फुडें तिचो विस्तार जावन तिचें कॉर्पोरेशन बँक अशें नामांतर जालें. बँकेचे वेव्हार जरी दुडवांचो आसलो तरी सगळ्या धर्मा-जातींच्या लोकांमदीं सहकार आनी एकचाराची भावना निर्माण करपाचो हे बँकेचो उद्देश आसा अशें अब्दुल्लान लिखीत रूपान जाहीर केल्लें.

ह्या धर्माचो-त्या धर्माचो असो भेद करिनासतांना अब्दुल्लान सगळ्या धर्माच्या लोकांच्या सहकार्यान बँकेचो कारभार चलयलो. ताची सचोटी, कामाची पद्दत आनी लोकांबद्दल आत्मीयता पळोवन बँकेच्या हेर जाळवणदारांनी ताका बँकेचो पयलो अध्यक्ष तर केलोच, तेच वांगडा 1906 ते 1929 मेरेन ताकाच अध्यक्ष दवरलो.

वेपार, बँकींग अशा वित्त-वेवसायांभायरय राजकीय, सामाजीक वावर ताणें केलो. महात्मा गांधीचे मंगळुरांत जाल्ले बसकेचें येजमानपण अब्दुल्लान चलयल्लें. (19.08.1920). पंचायत समिती ते मद्रास विधी मंडळा मेरेनच्या सरकारी समितीचो तो वांगडी आसलो. केंद्रीय विधीमंडळाचोय तो वांगडी आसलो. ताका सरकारान 1909 त खान साहेब आनी 1920 त खान बहाद्दूर हे किताब दिले.

आपले कर्तबगारीन कर्नाटकांत आनी विशेश करून उत्तर कॅनरांत व्हड नामना जोडिल्ल्या अब्दुल्लान गरजू लोकां खातीर सदळ हातान दान-धर्म केलो. लोकांच्या मनांत ताचे विशीं इतको आदर आसलो की जेन्ना ताका मरण आयलें तेन्ना उडुपी प्रदेशांतल्यो बाजारपेठो लोकांनी आपखोशयेन दोन दीस बंद दवरिल्ल्यो.

**- सं.**

**खानोलकर, चिंतामण त्र्यंबक :** (जल्म : 8 मार्च, बागलांची राई-वेंगुर्ले- सिंधुदुर्ग, मरण : 7 एप्रील, : 1976, मुंबय)

कोंकणांतलो मराठींतलो एक नामनेचो कवी, कादंबरीकार, नाटककार. ताणें आपल्यो चडश्यो कविता 'आरती प्रभू' ह्या टोपण नांवान बरयल्यो.

ताचे मुळावें शिक्षण कुडाळ, सावंतवाडी आनी उपरांत मुंबय हांगा जालें. 1949 वर्सा, कोचरे हांगा तो व्हर्नक्युलर परिक्षा पास जालो. 1960 वर्सा शालेय

रिक्षा पास जावन तो सिद्धार्थ महाविद्यालयांत गेलो.

चिंतामणीन मुंबय विद्यापीठ, मुंबयचें आकाशवाणी द्र तशेंच 'गुरूकुल' (लोणावळा) हांगा 1955 सावन 966 मेरेन नोकरी केली. मात ते उपरांत ताणें फकत रोवपूच केलें.

'वैनतेय' ह्या सातोळ्यांतल्या 'कुढत का रहायचे' ह्या वितेन तो कवी म्हण मुखाल आयलो.

कोंकणांतली लोकजीण आनी थंयचो सैम हांचो ताका ळिल्लो सांगात चिंतामणीच्या रपावळींतल्यान जळीमळीं दिसून ता. खानोलकरान आपल्या ाहित्यांत रंगयल्ल्यो व्यक्ती ह्यो जत्यो जिव्यो आशिल्ल्याचो णभव वाचतल्यांक खिणाखिणाक ता. मनीस जिणेंतलें भोगाचें सादारण अशें म्हत्व, तशेंच दुख्ख ानी दळदीर हांची अपरिहार्य अशी णविकाय आनी ह्या सगळ्यांच्या यर आशिल्लो नियतीचो गूढ असो ंकूश ह्यो सगळ्यो गजाली ताचे रपावळींत खुबशा सुवातींनी दिसून ता. व्यक्तिगत जिणेंतल्या ख्खाची सयाय ताच्या बरपांत दिसून येता. नवो अणभववाद, अस्तित्ववाद हांचे दर्शन ाच्या कवितांतल्यान घडटा. जिणेंत येवपी दुख हें नशाचें जडण घडणीचेर पातयेवन आसता, हाचेर ानोलकराचो पुराय विस्वास आसा.

ताणे कविता, नाटक, कादंबरी, कथा, बालसाहित्य अशा विविध साहित्य प्रकारांत मोलाची निर्मिती केली.

कविता : पालवी (1958) (संपादीत कविता ोलो), 'जोगवा' (1959), 'दिवे लागण' (1962), नक्षत्रांचे देणे' (1975) हे स्वतंत्र कविता झेले. तेभायर ामनेच्या नियतकालिकांतल्यान सुमार दोनशें कविता प्रसिद्द जाल्या.

नाटक : 'येईन एक दिवस' (1954), 'एक शून्य बाजीराव' (1966), 'सगे सोयरे' (1967), 'चव्हाटा' (1970), 'श्रीमंती पतीची राणी' (1971), 'अवध्य' (1972), 'कालाय तस्मै नमः' (1972), 'असाही एक अश्वत्थामा' (नाट्य रूपांतर) (1972), 'अगोचर' (नाट्य रूपांतर), 'पाषाण पालवी', (नाट्य रूपांतर) 'दुष्टचक्र' (नाट्य रूपांतर) 'हयवदन' (भाशांतर) (1973), 'अजब न्याय वर्तुळाचा' (भाशांतर) (1974), 'रखेली' (1976), 'अभोगी' (1976), 'प्रतिमा' (लोकनाट्य), 'माकडाला चढली भांग' (1969), तशेंच खानोलकरान आकाशवाणी खातीर आनी नियतकालिकां खातीर जायत्यो एकांकिका बरयल्यो.

कादंबरी : 'रात्र काळी... घागर काळी' (1963), 'तृण संगीत' (1964) (भाशांतर), 'अजगर' (1965), 'कोंडुरा' (1966), 'त्रिशंकू' (1968), 'पिशाच' (1970), 'अज्ञात कबुतरे' (1972) (आधारीत), 'अगोचर' (1975), 'पाषाण पालवी' (1976), 'भागथेम' (1976), 'असाही एक अश्वत्थामा' (1977), दुष्टचक्र (1979) हे भायर ताच्यो कांय कादंबऱ्यो नियतकालिकांनी प्रसिद्द जाल्यात.

कथा : सनई (1964), गणुराया (1970), 'राखी पाखरुं' (1971) आनी 'बाप' (1978) हे भायर ताच्यो खुबश्यो कथा, नियतकालिकांनी प्रसिद्द जाल्यात.

हेर लेखन : 'वारा वाजे रूणझुणा' (निबंध 1973), 'दीपमाळ' (व्यक्तीचित्रां 1974), 'गोपाळ गाणी' (बाल कविता संग्रह 1966), 'आम्ही आपले खुळोबा

खुळोबा' (बाल नाटक 1975), 'कावळे' (बाल एकांकिका 1976) आनी 'रातपरी - सोनपरी' (बाल एकांकिका).

चित्रपट : 'चानी' कथेचेर मराठी चित्रपट. चानी यशोदा आनी सामना ह्या चित्रपटां खातीर गीत-लेखन.

मान सन्मान : 1) हरी नारायण आपटे शिश्यवृत्ती (1964), 2) नॅशनल सेंटर फॉर परफॉर्मींग आर्टसची होमीभाभा फेलोशीप (1972), 3) महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार (1964, 1966 आनी 1970), 4) साहित्य अकादमी पुरस्कार (मरणोत्तर) 5) आकाशवाणी पुरस्कार 6) महाराष्ट्र राज्य मराठी चित्रपट महोत्सव पुरस्कार (कथा), 7) ललित पुरस्कार.

अजब न्याय वर्तुळाचा (अनुवादीत) नाटकाचे प्रयोग जर्मनी आनी स्वित्झर्लंड हांगा जाले. ह्या नाटकाच्या शतक महोत्सवी प्रयोगाच्या निमतान ताचो पूर्व जर्मनीक सत्कार जालो. ताच्या नाटकांचे हिंदी, गुजराती, कोंकणी सयत हेर भाशांनी अणकार जाल्यात.

**- सं. मं.**

**खाप्री :** गोयांत पुर्तगेजांचे राजवटींत काळे (निग्रो) सैनीक आसताले. तांकां खाप्री म्हणटाले. खाप्री हें उतर 'काफर' म्हणजे धर्मनिंदक ह्या उतराचो अपभ्रंश आसूं येता. मुसलमानी राजवटीखाला आशिल्ल्या अमुसलमानी लोकांक काफर म्हणटाले.

पुर्तगेजांनी हे खाप्री तांच्या आफ्रिकेंतल्या वसाहतींतल्यान हाडिल्ले आनी तातुंतले कांयजाण सामके गरीब, अशिक्षीत गुलाम वा बंदी (कैदी) आसले अशें समजता. तांकां गोंयात सामक्या उण्या दर्जाचीं कामां तशेच हुद्दे दिल्ले. तांच्या वांगडच्या गोंय पुर्तगेज गोऱ्या सैनिकांक (पाखले) वयल्या दर्जाचीं कामां तशे हुद्दे दिवन तांकां खांप्री हांचे वरिश्ट नेमिल्ले.

आफ्रिकेंतली तांची मागाशिल्ली फाटभूंय आनी तांची वैयक्तीक अशिक्षीत परिस्थिती हाका लागून सुरवेक तांचें वागप बरेंच अनाडपणाचें आसलें.

उपरांत ल्हव ल्हव करून तांचेमदीं थोडी-भोव सुदारणा घडूंक लागिल्ली. गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं हे खाप्री आपल्या मायदेसांत गेल्ले.

**- सं.**

**खापऱ्यांची जात्रा :** कोंकणांतल्या कर्याद नारूर (ता. कुडाळ) हांगाच्या थळाव्यां दैवतांची वुर्सकी जात्रा. वैशाख कृष्ण पक्षांतल्या धनिष्ठा नमीक सावन उमाशे मेरेन जात्रेची कार्यावळ जाता.

सावंत, राऊळ, मडवळ ह्या घराण्यांतले दादले बायलांचो भेस करतात. तांचे वांगडा बुवाच्या भेसांत एक गोंसाय रावता. धोल ताशांच्या वादनांत तांची मिरवणूक थारावीक सुवातींनी काडले उपरांत, देवळाच्या आवारांतल्या भावईच्या पाशाणा कडेन ते भेस देवयता. देवळाच्या आवारांत भारपेरणीं ही जमीन नांगरपाची कार्यावळ जाता. उपरांत सगळ्यांक घऱ्यांचे वाटप करतात. त्रयोदशी दिसा खापऱ्याचें रूपडें गांवकार लोकांच्या घरामुखा वयल्या मंडपांत हाडून दवरतात. राती कडेन ह्या रूपड्या कडेन 'सुद्रीक' वंशाच्या मनशा आंगांत भार येवन तो विडे मानकरी मंडळीक नांवान आपयता. उपरांत भार रूपडें घालून श्री देवी महालक्ष्मीच्या देवळाच्या आवारांत एक फेरी मारून परत मंडपांत येवन बसता.

चतुर्दशी दिसा दनपारच्या वेळार हो भार रूपडें घालून श्री देवी महालक्ष्मीच्या देवळाच्या आवारांत एक फेरी मारून परत मंडपांत येवन बसता.

चतुर्दशी दिसा दनपारच्या वेळार हो भार देवळाच्या आवारांत रूपड्या बगर पासय मारता आनी आपल्या मारेकऱ्याचो सोद घेता. तेवेळार मानकरी मंडळी विरांचो भेस करून देवळाच्या आवारांत उबी रावता. तांकां पळयतकच तांचो सूड घेवपाच्या उद्देशान भार परत मूळ सुवातेर येवन रूपडें घालता आनी खंजीर घेवन विरांक मारपा खातीर देवळाच्या आवारांत येता. तो येवचे पयलींच वीर जाल्ले आपलो भेस बदलून देवळांत येवन

शिल्ल्यान तांकां सोदपाक भार देवळांत येता. तेन्ना
ोल, ताशे आनी हु-हु-हु-हु अशा हुंकाराच्या गजरांत
ार पासयो मारता. उपरांत भार मंडपांत वचून थंय रूपडें
वरता.

ते राती भावईच्या पाशाणा मुखार दवरिल्ली एक
ठाची बावली भार आपल्या खंजीरान नश्ट करता आनी
रंत आपले मूळ सुवातेर वता. भार जे जे सुवातेर विसव
वपाक बसता थंय कोंबो कापतात. उमाशे दिसा सकाळीं
ारूर आनी गोठासचे शिमेचेर सजयल्लें रूपडें व्हरून
यं बलिदान आनी निवेद्याची कार्यावळ जाता.

नारूर हांगां बेरडांची गाळवी, सतीचो फातर,
त्रोबाचो फातर, बळीचो वाफो अशा धार्मीक सुवातींक
 जात्रेंत म्हत्व उरता.

गोंयांतय खाप्रेश्वर देवाची खापऱ्या जात्रा मायणा,
ावेली (दिवचल) हांगा जाता.

- सं. मं.

**खांब्यांनी, खांबे धरचेल्यांनी (खेळ)** : एक आदलो खेळ. ह्या खेळांत खांबे धरपाचे आशिल्ल्यान ताका खांब्यांनी वा खांबे धरचेल्यांनी म्हणटात. कांय वेळां खांब्यांचे सुवातेर म्हेडिंचो (झाडाच्यो बेणिल्ल्यो व्हड खांदयो) ह्या खेळांत वापर करता तेन्ना ताका म्हेडिंनी अशेंय म्हणटात.

जंय घराचे वा मंडपाचे बांदकाम केल्ले खांबे आसता थंय खांब्यांनी आनी जंय आंगणांत माटवाच्यो म्हेडी आसता थंय म्हेडिनी हो खेळ खेळटात.

जितके खांबे वा म्हेडी आसता तांच्या आंकड्यापरस एका आंकड्यान चड आशिल्ले खेळगड्यांनी हो खेळ खेळचो आसता. जर खांबे वा म्हेडिंचो आंकडो आठ आसलो तर खेळगड्यांचो आंकडो णव आसचो लागता.

सुरवेक सगळे खेळगडे खेळपाचे सुवातिच्या मध्यकाक वाटकुळे पद्दतीन (कोंडाळ्यान) उबे रावतात आनी सकयल्याप्रमाण म्हणटात.

**आको माको तेल माको**

**तेलकाराचो डबो फुटलो**

**तेल गे तेल.......**

अशें म्हणून दर एकलो खांबे धरूंक धांवता. एक खांबो उणो आशिल्ल्यान एकलो खांब्या बगर उरता ताका 'बेबो' म्हणटात. उरिल्ले खांबो धरून रावतात. बेबो जाल्लो खेळपाचे सुवातेच्या मध्यकाक उबो रावता. हेर खेळगडे आको माको तेल माको... करीत एका खांब्या कडल्यान दुसऱ्या खांब्या कडेन धांवतात. हें खांबे बदलप चलतांना बेबो जाल्लो खेळगडो खंयचोय एक खांबो धरपा खातीर धांवता. बेब्याक खांबो मेळ्ळो तर जो कोण खांब्या बगर उरला तो बेबो जाता.

हें खांबो धरप-खांबो सोडप गडे आपणामदीं संकेत करून सांघीक पद्दतीन करता जाल्ल्यान बेबो जाल्लो खेळगडो जायते फावट फटवता. केन्ना केन्ना बेब्याक फटोवपा खातीर म्हणून खेळगडे सोडपा-धरपाचे अभिनय करतात. पूण प्रत्यक्षांत तेन्ना खांबो सोडिना आनी जेन्ना बेबो बेसावध उरता तेन्ना खऱ्यांनीच खांबो सोडटा.

आदल्या काळांत देवळांच्या अगरशाळांक जायते खांबे आसताले. थंय हो खेळ मुजरत खेळप जातालें. शिगम्या-दसऱ्या परबेक वा लग्न, मुंजी सुवाळ्याक जंय आंगणांत माटोव घालप जाताले थंय माटवाच्या म्हेडिंनी हो खेळ खेळप जातालो. ह्या खेळावरीं आंगाक व्यायाम घडटालो तसो मनाक शिटूकसाणिचें शिक्षण मेळटालें.

आतांच्या काळांत खांबे म्हेडी आशिल्ली मेकळी सुवात उपलब्ध आसना. तेभायर अशा आदल्या खेळांची आवड आयच्या तरणाट्यांक ना. ते खातीर हेर आदल्या खेळां सारकोच होय खेळ खेळप आतां उणें जालां.

-एन सुहास

-सं. मं.

**खामसुत्री बावल्यो** : बावल्यांच्या हालचालींतल्यान एकाद्रो कलात्मक प्रसंग प्रेक्षकांमुखार सादर करपाचो पूर्विल्ल्या काळां सावन चलत आयिल्लो एक खेळ.

खामसुत्री बावल्यांचें आंग, अवयव जाय ते दिकेक सहज धुंवडावंक मेळचे म्हूण तांच्या आंगांतल्यान सुतां, तारो व्हरतात. ह्यां तारांक 'खामसुत्र' अशें म्हणटात. खामसुत्र हातांत घेवन सुत्रधार माचयेवेल्या बावल्यांक तरांतरांनी नाचयता.



भारतांत खूब पुर्विल्ल्या काळा सावन हो खेळ चलत आयला. 64 कलां भितर हे कलेचो आसपाव आसा. हे कलेचो सगळ्यांत पयलो उल्लेख महाभारतांत मेळटा.

**परप्रयुक्त : पुरूषो विचेष्टते।**

**सूत्रप्रोता दारूमयीव योषा**

खामसुत्री बावल्यांचो आरंब सुरवेक युरोपांत जालो आनी उपरात ताचो प्रसार उदेंते कडल्या चीन देशांत आनी फुडें अमेरिका देशांत जालो अशें अस्तंती पंडितांचें मत आसलें, तरी खामसुत्री बावल्यांची मुखेल जल्मभूंय भारत आसून भारतीय नाटकांचें मूळ खामसुत्री बावल्यांच्या खेळांत आसा, अशें डॉ. पिशेल हांचें मत आसा. खामसुत्री बावल्यांच्या खेळांतलो सुत्रधार जें काम करता तेंच काम भरतमुनीच्या नाट्यशास्त्रांतलो सुत्रधार करता. हाचेवेल्यान खामसुत्री बावल्यांच्या खेळांतलो सुत्रधारूच नाट्यसृश्टींत आयलो अशें अनुमान वेदार्थयन्त्रकर्तेस. शं. पां. पंडित हाणें केलां. भारतांत हे कलेचो प्रसार खूब पुर्विल्ल्या काळा सावन आशिल्लो. हें पंचतंत्रांतल्या 'काष्ठचित्रक्रिडन' आनी अवदानकल्पलतेंतल्या 'यंत्रपुत्रकलीला' ह्या खामसुत्री बावल्यांच्या खेळांक उद्देशून आयिल्ल्या शब्दां वेल्यान दिसून येता. तशेंच हेर संस्कृत साहित्यांतल्यान पुत्रिका, दृहित्रिका, पुत्तली, पुत्तलिका आनी काष्ठपांचालिका ह्या शब्दांचो वापर खामसुत्री बावल्यांक उद्देशून केला. राजशेखरान आपल्या 'बालरामायण' ह्या संस्कृत नाटकाच्या पांचव्या अंकांत दोन खामसुत्री बावल्यो माचयेर हाडल्यो. माचयेर खामसुत्री बावल्यो हाडपी संस्कृत भाशेंतलें हें पयलेंच नाटक. त्या काळांत बावल्यो तयार करपा खातीर लाकूड, लोकर, रेड्याची कातडी, शिंगां आनी हस्तीदंत हांचो वापर करताले.

ह्यो बावल्यो घडोवपाचे नदरेन खामसुत्री बावल्यांचे चार मुखेल प्रकार आसात :

1) छाया - बावली, 2) हात - बावली, 3) काठी - बावली आनी 4) सुत्र बावली.

**1) छाया - बावली :** ही रंगीत कागद, कचकडें (कांसवाची कट्टें), पातळ चामडें अशा मीतपारदर्शक पदार्थांपसून तयार करतात. हांचेर उजवाड घालून तांच्या फाटल्यान आशिल्ल्या पड्ड्यार तांच्या पडिल्ल्या सांवळ्यांच्या आकृत्यांचे हालचालीचेर खेळ दाखयता.

**2) हात - बावली :** हातमोज्या सारकीं हाताचेर बसोवन माचये फाटल्यान उबो रावन हिची हालचाल करतात.

**3) काठी - बावली :** ह्या प्रकारांत बावलेची तकली एके पातळ काडयेर बसयल्ली आसता. दोनूय तळटांक

शोच पातळ काडयो लायिल्ल्यो आसतात. एका हातान कलेची काडी आनी दुसऱ्या हातान बावलेच्या तांतल्यो दोनूय काडयो हांची हालचाल करून बावली लयतात.

**4) सूत्र - बावली** : ही खरी खामसुत्री बावली. बावलेच्या वेगवेगळ्या अवयवांक सुता बांदून माचये टल्यान वयर उबो रावन तांकां नाचोवप जाता.

खामसुत्री बावल्यांच्या नाचाच्यो दोन पद्दती आसात - एक राजस्थानी आनी दुसरी दक्षिणात्य. उत्तर प्रदेश वा राजस्थानी पद्दतीचे बावलेक 'कठपुतली' अशें म्हणटात. चड करून लाकडापसून तयार करून तिका कापड आनी चामडें हांचोय वापर करतात. ज्या प्रदेशांत कठपुतळ्यो तयार करतात, त्या प्रदेशांतले न्हेसण आनी केसरचना त्या बावल्यांक चडयतात. ह्या खेळां खातीर वेंचून काडिल्लें कथानक इतिहासीक प्रसंगाचेर वा शूर मनशाच्या चरित्राचेर आदारिल्लें आसता. ह्या बावल्यांचें संचालन पड्ड्यामुखार जाता. दक्षिणात्य पद्दतीची बावली आकारान मोटी आसता. तांचें कथानक धर्मीक आनी पौराणिक कथाप्रसंगांचेर आदारिल्लें आसून ह्या बावल्यांचें संचालन पड्ड्या फाटल्यान करतात. ताका लागून प्रेक्षकांक प्रत्यक्ष बावल्यो दिसनात फकत तांच्यो सांवळ्यो मात दिसतात. मलबारांत ह्या छायानाट्याक 'पेवाकुत्तू' आनी तें दाखयतल्यांक 'कुत्तूकर' अशें म्हणटात. अठराव्या शेंकड्या मेरेन हे कलेक राजदरबारांत मानाची सुवात आशिल्ली. त्या काळांत इतिहासांतल्यो घडणुको, पुराणांतल्यो काणयो, लोकां काणयो आदीं प्रसंग खामसुत्री बावल्यांच्या खेळान दाखयताले.

उत्तर प्रदेश, महाराष्ट्र, माळवा, राजस्थान, बंगाल, गुजरात, आंध्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांनी हो व्यवसाय वंशपरंपरागत चलोवपी कुटूंबां आसात. तेच प्रमाण खामसुत्री बावल्यांची ही कला ब्रह्मदेश, चीन, जपान, जावा, बाली तशेंच तुर्कस्तान, ग्रीस, सुमात्रा, ईजिप्त, इटली ह्या देशांतूय प्रचलीत आसा.

इटलींत ह्या खेळाक 'पंचिनेलो' आनी फ्रांसांत 'पोलिशिनॅल' म्हूण वळखतात. 1660 वर्सा ताचो प्रसार इंग्लंडांत जावन त्या नांवाचो 'पंच' असो संक्षेप जालो.

1921 वर्सा मॅकआयझाक हाच्या 'द दोनी सर्ग मेरिओनेर बूक' ह्या पुस्तकाक लागून ह्या खेळाचो खूब प्रसार जालो. 1930 वर्सा प्राग हांगा खामसुत्री बावल्यांची एक संवसारीक स्वरूपाची संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेन संवसारीक अधिवेशनां घडोवन हाडलीं. ह्या खेळाविशींचीं स्वतंत्र अशीं नेमाळीं सुरू केलीं. देखीक : 'द मेरिओनेट' (1918), बुकारेस्ट हांगा मे 1958त भरिल्ल्या खामसुत्री बावल्यांच्या संवसारीक उत्सवांत 27 देशांचे 300 सभासद हाजीर रावन 30 हौशी मंडळांनी खेळां-प्रदर्शन केलें.

आयज अस्तंती देशांनी आनी चड करून अमेरिकेंत यंत्रविद्येची जोड घेवन खामसुत्री बावल्यांचें, नाट्य - मनोरंजना वांगडाच शिक्षण आनी प्रसाराचें साधन म्हूण वापरतात.

कर्नाटकांतल्या कुंदापूर वाठारांतलो उप्पिना कुद्रू कोग्गा देवण्णा कामथ हो खामसुत्री रंगमाचये वयलो नावाजतो कलाकार. ताणें हे कलेक भारतांत आनी भारता भायर नामना जोडून दिली. 1966 वर्सा देवाण्णा कामथ हाका हे कले खातीर राष्ट्रपती पुरस्कार फावो जालो.

**-सं. मं.**

**खारवी : पळयात → समाज कोंकणी**

**खारें न्हाण (खारें उदक - न्हाण)** : दर्या उदकांत न्हावपाचो एक घरगुती वैजकी उपचार. आदल्या काळांत सर्रासपणान आनी आतांय कांय प्रमाणांत जाण्टी मनशां नेमान, दर वर्सा मे म्हयन्यांत दर्या वेळेर वचून दर्या-न्हाण घेतात. हें न्हाण निखट्या उदकाचें आसना तर तातूंत दर्या - ल्हारां आंगार घेवपय जाता. मदीं मदीं विसव घेवन, दीसभर दर्या उदका - न्हाण घेवपाची रीत आसा.

जांकां लागीं दर्या नासता तीं मनशां दर्या लागीं आशिल्ल्या आपल्या सोयऱ्यांगेर वचून आठ-धा दीस थंय रावून खारें न्हाण घेतात.

दर्यांतल्या उदकांतले मिठाचें प्रमाण आनी दर्या ल्हारांचो आंगार जावपी मारो हाका लागून मनशाचे कुडींतलें रगत वेवस्थीत कुडींत घोळटा. तशेंच ल्हारांच्या माऱ्यान कुडिच्या अवयवांक एक तरेचो मसाज जाता. हाका लागून जाण्ट्यां मनशांच्या अवयवांक उदका - उपचार (Water theraphy) घडटा. हे उपचार पद्दती वरवीं जाणट्यां मनशांच्या हाता-पायांक, कंबरे-मानेक आनी हेर अवयांक जाण्टेपणांत येवपी सुजीचेर दुखीचेर आनी काती रोगाचेर थाकाय मेळटा, असो जायत्या जाणांचो अणभव आसा. प्रचलीत वैजकी शास्त्रांतय उदका-उपचाराची पद्दत आसा. कांय वैज जाणट्यां खातीर खारें उदका-न्हाणाची शिफारस करतात.

संवसारांत कांय कडेन थारावीक वाठारांतलो चिखोल आंगभर थापून चिखोल-न्हाण घेवपाची रीत आसा. ह्या चिखोल-न्हाणा फाटल्यानय अशीच वैजकी उपचार पद्दतीची भावना आसा आनी तिका वैजकी शास्त्रान मान्यताय दिल्ली आसा.

-सं.

**पुरक नोंद : कालो (चिखल कालो)**

**खारें (सुकें) नुस्तें** : खारोवन सुकयल्लें नुस्तें. जितें नुस्तें सदाकाळ मेळना. विशेश करून पावसांत, दर्या खुबळटा तेन्ना नुस्तें मारपाक नुस्तेकारांक वचूंक मेळना तेन्ना जित्या नुस्त्या जाग्यार नुस्ते खावपी सुक्या नुस्त्याचेर भागयता.

पावसा पयलीं जेन्ना जितें नुस्तें व्हड प्रमाणांत उपलब्ध आसता तेन्ना उरिल्लें नुस्तें मिठान खारयतात. कांय वेळ नुस्तें मिठांत दवरून उपरांत तें वतांत आनी सावळेंत सुकयतात. बरें सुकोवन, सुकें सडसडीत जाल्लें नुस्तें आयदनांनी भरून दवरतात. हें सुकोवन दवरिल्लें नुस्तें



मागीर वर्सभर, विशेश करून पावसाळ्यांत खातात. सुक्या नुस्त्याचो पुरूमेंत (सांठवण) पावसाळ्या खातीर करता आसलो तरी सुक्या (खाऱ्या) नुस्त्याचे खाशेले पदार्थ वर्सभर खातात.

सगळेच तरेचें नुस्तें सुकोवपाक मेळटात आसलें तरी सुंगटा, करबट, बांगडे, वेल्ल्यो, पेडवे, तारले, वणगां, पातोशीं, कापसाळीं अशें बारीक नुस्तें चड करून सुकयतात. तांचे वांगडाच मोरी (शार्क प्रकारांतलें एक मध्यम आकाराचें नुस्तें) हें एक सुक्या नुस्त्यांतलें एक आवडीचें नुस्तें.

सुकें नुस्तें खावपाच्यो दोन तरा आसात. एक तशाक तशें भाजून (कोळशार वा कायलीर) ताचे मोवले काडून खातात. दुसरी तरा किसमूर करून खावपाची. किसमुरींत सुक्या नुस्त्याचे मोवले, नाल्लाची सोय, मिरसांग, मीठ, हळदी पिठो, तेल, कांदो हांचे मिश्रण मोवलो भाजसर तळशीतात. ह्या दोन प्रकारां भायर सुंगटां, बांगडे, वेल्ल्यो अशा खाऱ्या नुस्त्याचे कुडकें घालून हुमण (फीश करी) करतात. आतां तारांकीत हॉटेलांनीय सुक्या नुस्त्याची किसमूर एक खाशेलें डीश (खाण) म्हणून जेवणार दितात.

बाजारांत तरेतरेचें खारें नुस्तें वर्सयभर उपलब्ध

ासतात.

-सं.

**खावचें पान (पानवेल) :** (मराठी : नागवेली, हिंदी, गुजराती : पान, न्नड : थल्लीबळ्ळी, संस्कृत : नागवल्ली, इंग्लीश : ीटल वायन, लॅटीन : पायपर बीटल).

जायतीं वर्सां जगपी एक नाजूक वाल. पंगरो, म्हशींग ा सारक्या झाडांच्या तशेंच वणटीच्या आदारान ती वयर डटा. पानां मध्यम आकाराचीं, सादीं 5-20 सें. मी. ांब, 2-2.5 सें.मी. लांब देंठाचीं वयर रूंद आनी कयल अशीर. पानवेलीचे मुखेल दोन प्रकार आसात. ) धवें पान आनी 2) काळे पान.

**1) धवें पान :** धव्या पानांचो रंग लेव पाचवो आसता ानी तीं मात्शीं पातळशींच आसता. पान खावप्याक चड रून हें धवें पान खावपाक आवडटा.

**2) काळें पान :** काळ्या पानांचो रंग गाड पाचवो ासता आनी तीं मात्शीं दाटशींच आसता. खूब कमी माणांत हें पान खावप जाता. पानवेलीच्यो 100 परस ड जाती आसात. तातुंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो आसात यो अशो :

कपुरी, काळीपत्ती, रामटेक, बंगला, शंकरी, धई, मिठापान, पोहबी आनी बनारसी. हातुंतली कपुरी ही जात सगळ्यांत बरें उत्पन्न दिता. जाल्यार ाघई, मिठापान, मोहबा आनी बनारसी ह्या ातींची विशिश्ट रूची खातीर नामना आसा.

**रोवपाची पद्दत :** पानवेल लावपा खातीर 3 ीटर लांब आनी 1.5 मीटर रूंद अशें गादीवाफे यार करप. ह्या वाफ्यांचेर 30X30 सें. मी. अंतराचेर पानवेल लावपाची. एक वर्स पयलीं ्हशींग वा पांगऱ्याची लागवड करपाची. दुसऱ्या र्सा ह्या झाडामुळांत पानवेल लावन ती त्या झाडाच्या आदारान वयर चडोवपाची. पानवेलीचे लागवडीक थंड सावळेची गरज आसता. तशेंच सुपीक आनी बरें उदक व्हांवून वचपी जमीन लागता. ह्या पिकाक खारट जमीन मानवना. पानवेल एक फावट लायली की 12-15 वर्सां बरें उत्पन्न दिता.

**उत्पन्न :** रोयले उपरांत एका वर्सा मेरेन पानवेलीचीं पानां काडिनात. सुरवातीच्या तेंपार पानवेलीचें उत्पन्न उणें आसता. 3-4 वर्सांच्या एका हॅक्टराच्या पानमळ्यापसून वर्साक 50 ते 75 लाख पानां मेळटात. आनी ताचेपसून सुमार 40-50 हजार आनी ताचेपसून सुमार 40-50 हजार रुपयांचें उत्पन्न मेळटा. पानवेलीचें आयुश्य 6-10 वर्सां आसता.

कोंकणांत ह्या पिकाची लागवड वेपारी तत्वाचेर व्हडलीशी केल्ली दिसना. पूण कोंकणांतल्या वाठारांनी पोरसांनी, भाटांनी तशेंच कुळागरांनी पानवेली लायिल्ल्यो दिसतात.

**उपेग :** भारतांत खूब पुर्विल्ल्या काळासांवन हे वालीची लागवड केल्या. महाभारत तशेंच हेर धार्मीक ग्रंथांनी पानवेलीचो उल्लेख मेळटा. हिंदू धर्मांत खंयच्याय धार्मीक तशेंच शूभ कार्यांत पान आनी सुपारेचो विडो दवरतात. पानाचो उपेग मुखेलपणान खावपा खातीर



पानवेली

केलाच, तेभायर तिचो वखदी उपेगूय करतना पळोवंक मेळटा. जेवणा उपरांत पानपट्टी खावपाची प्रथा खूब आदीसांवन आसा आनी ही प्रथा आयजूय बरेच कडेन आसा. पानपट्टी तयार करपाक पाना बरोबर चुनो, चुरो (तंबाकू), सुपारी, बडीशेप, लवंग, वेलची, जायफळ ह्या सारक्या वस्तूंचो उपेग करतात. आदल्या काळांत जात्रांनी पानपट्ट्यांचे खाशेले मांड पडटाले. आयजय शारांनी विडी - सिगारा वांगडा पानपट्टी तयार करून दिवपी गाडे आसात. पानपट्टी जावं पान खातना लाळ भरपूर तयार जाता. ताका लागून जेवणाचें पचन बरें जाता असो समज आसा. तर मुखशुद्धी (जेवल्या उपरांत तोंडाक वास येवचो न्ही) खातीर हें पान खातात असो कांय जाणां मदीं समज आसा. कोंकणांत तर प्रत्येक जाण्टे बायल मनशेच्या कमराक लायिल्ले चंचींत पान, चुनो, चुरो (तंबाकू), सुपारी हे चार नग आसतातूच. पूण हालिंसारा चुनो, चुरो खावप्यां मदीं तोंडाची आनी ताळ्याची पिडा (कॅन्सर) जावपाचो धोको निर्माण जाल्ल्यान पाना वांगडा सुपारेचो इल्लो कुडको गुठलावन तो दांडयेंत दवरतना कांय जाण्टीं दिसतात.



पान सुपारी (विडो)

पानांत 'ब' आनी 'क' जीवनसत्वां भरपूर आसात. मेंदू, काळीज, फिग्द ह्या इंद्रियांक पान हें पुश्टीक आनी बलवर्धक. भुरग्यांच्या पोटांत वळत, जिरवण सारकी जाली नासत, पातळ परसा कडेन जायत जाल्यार खावच्या पानांचो रोस काडून तातूंत इल्लें म्हांेव घालून दीत जाल्यार गुणाक पडटा. भुरग्यांचे ताळयेर (माथें) तेला थेंबो घालून ताचेर खावचीं पानां दवरल्यार खावची पानां आंगांतली उश्णताय ओडून काडटा. तशें केल्यार भुरग्यांक न्हिदूय बरी पडटा. पांय उसळत वा फोडत जाल्यार खावच्या पानांचो रोस काडून तातूंत इल्लें म्हांेव घालून घेतल्यार जाता. तें नेव्हांचेर गुणाक पडटा. पानांत क्लोरोफील आशिल्ल्यान दांत बळकट जातात. पानांतल्या तेलाचो उपेग आयुर्वेदीक वखदांनी करतात. वयले वखदी उपाय करचे पयलीं योग्य जाणकारांचो सल्लो घेवनूच करचे.

हिंदू धर्मांत तर खावचे पान आनी सुपारे बगर (विडो) कसलेंच धार्मीक कार्य जायना. दर एके पुजेक विडो दवरपाचो रीत-रिवाज आसता. होम घालप, लग्न कार्या वेळार, घर प्रवेश तशेंच हळदी-कुकमाकूय कपलाक लावन, पान सुपारे वांगडा वायण दिवपाची पद्दत कोंकणांत आसा.

**खेळ :** खावचे पानाचेर आदारीत एक भुरग्यां खेळूय आसा. तो असो :

ह्या खेळांत एका परस चड भुरगीं लागतात. हो खेळ बसून खेळपाचो. जमनीर बसतकूच सगळ्यांनी आपले दोनय हात जमनीर उमथे दवरपाचें (तळवे जमनीक लावप). जो, जें खेळां गीत म्हणटालो ताचोच एक हात उमथो उरतलो. हो खेळ चलो आनी चलयांनी खेळपाचो. वयाचे बंधन ना. बसतना गोलाकारान (वाटकुळी) बसचीं. खेळां गीत म्हणटा ताणें आपलें दुसरे बोट प्रत्येकाच्या दर एका बोटाक बोट तेंकयत म्हणपाचें तें अशें :

**"आपटी धापटी**
**खावचे पान**
**घालगो बेबी**
**म्हजे नांव**
**आपो झिंगापो**
**कारा मेरी पो..."**

ज्या बोटार 'पो' पडटा तें बोट पोंदच्यान आवुळपाचें. अशे तरेन प्रत्येकाची दोनय हातांची बोटां आवळपाक

ाय. जाची दोनय हाताची बोटां पयली आवुळटा ती यली जैतिवंत थारता. अशें करीत दुसरो, तिसरो... ानी अशे तरेन हो खेळ सोंपता.

**कोंकणी म्हण : पानवेलीच्या धर्मान म्हशिंगाक दक.** पानवेल हो वालिचो वनस्पत प्रकार आशिल्ल्यान ंका चडशी म्हशिंगाच्या रूखार चडयतात. ते खातीर ंका म्हशिंगाच्या मुळालागीं रोयतात.

हरशीं म्हशिंगाक दिसपट्टें उदक घालिना पूण ानवेलीक तशें उदक घालचें पडटा. ते घालतांना हशिंगाक आपसुखीच उदक मेळटा. जेन्ना कोणा एके यक्तिच्या बऱ्यापणाचो लाव तिचेलागिचें दुसरे यक्तीक आपसुकच मेळटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

**- सं. मं**

**खिचडी** : एक उपासाचें खाण. तें शाबू दाण्यापासून तयार करतात. तें करपाचें साहित्य आनी ीत अशी : 4 वाटी शाबू तांदूळ, 2 हरव्यो मिरसांगो, 1 ाटी भिकणां, 4 कुलेरां तूप/तेल, 1 कुलेर जिरें, 1 मोटे ुलेर सोय (जाय जाल्यार घालची)

**रीत** : आदले राती शाबू तांदूळ धुवन उदक पुराय ोतून धापून दवरचें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं भिकणां ाजचीं. तीं भाजल्या उपरांत मिक्सरार खरखरीत वांटून वचीं. भिकणाचो केल्लो पिठो शाबू तांदळांत ओतचो.

तूप/तेल एका आयदनांत घालचें. ते तापतकच जिरें ालचें. मिरसांग आनी शाबू तांदळान एकठांय केल्लो भिकणाचो पिठो एकठांय करून मंद उज्यार धांपणें धांपून ाजचें. धांपणें काडून मदीं मदीं तें चाळचें आनी उपरांत ंग बदलतकच, म्हणल्यार तांबूस रंग येतकच उज्या यले सकयल काडचें. खिचडी चडशी उपासाचें खाण ्हणून करतात.

**-सं. मं**

**ख्रिस्त येसू (जेजू):** (जल्म : इ. स. पू. 6, बेथलीएम, यहुद, पॅलेस्टाइन, मरण : इ. स. पू. 30, जेरूसलेम)

किरिस्तांव धर्माचो संस्थापक आनी प्रवर्तक. किरिस्तांव धर्मीय ताका देवाचो पूत मानतात. धतरीवयले मनीस कुळयेचें रक्षण करपा खातीर खासा देवानच ताका धतरेर धाडला अशी किरिस्तांव लोकांची व्हडश्रद्धा आसा. ताका जिझस ख्राश्ट, जेजू अशां नांवांनीय पाचारतात.

येसूचे मूळ हिब्रू नांव. 'येशुआ' आसलें, आनी ताचो अर्थ ज्यूंचो एकमेव देव योहावो हाचो सहाय्यक असो जाता. येसू ख्रिस्ताच्या नावांक जोडिल्लें ख्रिस्त हें उपनांव मूळ ग्रीक उतरा वयल्यान आयलां. 'क्रिस्तॉस' (मसिहा) म्हणजे देवान नेमिल्लो वा देवान अभिशिक्त केल्लो असो अर्थ जाता. जिझस ख्राइस्ट (ख्रिस्त) म्हणजे मसिहा जिझस अशें जाता.

येसूच्या जल्मा संबंधीची म्हायती मॅथ्यू आनी ल्यूक हांच्या शुभवर्तमानांतल्यान मेळटा. ह्यां दोगांच्याय शुभवर्तमानाप्रमाण येसूचो जल्म जुडिआंतल्या बेथलिएम गावांत जालो. ताची आवय कुमारी मेरी आसली. मेरीच्या घोवाचें नांव जोसेफ आसलें आनी तो मेस्तपण



करतालो.

ग्रॅबीएल हो देवदूत मेरीक मेळिल्ले कडेन ताणे तिचें भुरगें म्हणजे येसू ख्रिस्त हो देवाचो पूत आसा आनी तो संसाराचो मसिहा जातलो म्हणपाचें सागलें. पुर्वेकडच्यान तीन विद्वानांक मळबांतल्या एका खाशेल्या नखेत्रावरवीं येसूच्या रूपान संवसारार एक देवदूत आयला म्हणपाचे संकेत मेळ्ळे. ते प्रमाण हे विद्वान येसूचो माग काडीत काडीत बेथलीएमाक गेले आनी येसूचें दर्शन घेवंन ताका ताणी भांगर, दूद आनी वासाचो द्रव दिलो आनी गेले.

ल्यूक वर्तमानाप्रमाण येसू बारा वर्सांचो आसतना, जेरूसलेमाच्या देवळांत गेल्ले कडेन, ताणे धर्म ह्या विशयाचेर आपल्या अलौकीक गिन्यानावरवीं थंयच्या धार्मीक विद्वानांक अजापीत केले. देवदूत, देवपूत म्हणून जल्माक आयिल्ल्या येसूक जल्मताच दिव्य गिन्यानाची प्राप्ती जाली अशें मानतात. येसूकय हाची जाणीव आसली आनी मनीसकुळयेच्या कल्याणाच्या खाशेल्या कार्याखातीर देवान आपणाक आशिर्वाद दिवन धर्तरेर धाडला म्हणपाची ताची भावना जाली. हे भावनेक धरून येसून देवाच्या राज्याची घोशणा करून अशा राज्याची संकल्पना मांडली. देवाचें राज्य हे धर्तरेवयल्या घडणुकांचें नवें राज्य आसतलें तें देवाक धर्तरेर हाडटलें आनी ह्या राज्यांत सगळे लोक हीं देवाचीं भुरगीं म्हणून जियेतलीं अशी ह्या राज्याची संकल्पना आसली. ही संकल्पना मूर्त रूपांत दाखोवपा खातीर येसून फुडे जायते चमत्कार करून लोकांक सुख-समादान दिलें म्हणपाचें उल्लेख आसात. तेचप्रमाण देवाच्या राज्यांत कशे तरेन प्रजेन वागचें हे संबंधी ताणे लोकांचें प्रबोधन बोधकथा सांगून केलें.

देवाचेर आनी आपल्या शेजाऱ्यांचेर प्रेम करपाची शिकवण, दुसऱ्या कडच्यान जे तरेची वागणूक आपूण अपेक्षीत करता ते तरेची वागणूक आपणेन दुसऱ्यांक दिवची ही लागणूक, कोणेन तुमच्या उजव्या गालार थापट मारलें तर ताचेर पर्थून थापट मारिनासतना, ताच्या मुखार तुमचो दावो गाल करचो हो क्षमेचो उपदेश, ही ताच्या देवाच्या राज्यांतली आचारसंहिता आसलीं.

तेन्राच्या रोमन राज्यकर्त्यांक ह्या देवाच्या राज्याची तशी ह्या राज्याच्या निर्मात्याची म्हणजे येसूची धास्ती दिसूंक लागली. तांचे राज्यवेवस्थेक आनी समाज वेवस्थेक छेद दिवपी ही पर्यायी वेवस्था तांकां मानवलिना. ताणी ताका देशद्रोही, धर्मद्रोही थारायलो आनी तेन्राचे मरण-दंडाचे रितीप्रमाण ताका खुरसार खिळावन मारलो. खुरसार मरणाचेर धडेर पाविल्लो तेन्राय ताणे उद्गार काडले ते अशे :

"देवा तूं तांकां क्षमा कर. कारण ते कितें करता तें तांकां खबर ना"

ह्या ताच्या निमाण्या उतरांनीय ताच्या देवाच्या राज्याचे संकल्पनेची, दया क्षमा शांतीची शिकवण प्रतीत जाता.

खुरसार चडयल्या उपरांत, तीन दिसांनी येसू पर्थून जिवो (पुनरूत्थान) जालो अशें सांगतात. किरिस्तांव समाजाखातीर, येसूक खुरसार मारिल्लो दीस (गूडफ्रायडे) हो दुखखाचो दीस आनी पुनरूत्थानाचोदीस (ईस्टर) हो आनंदाचो दीस आसलो तरी तांचे खातीर दोनय दीस पवित्र दीस आसात.

येसू ख्रिस्ताची प्रेरणा घेवंन येसूफाटल्यान, ताच्या शिश्यांनी ख्रिस्ती धर्माचो प्रचार आनी प्रसार केलो. ह्या प्रचारकार्यांत सुरवेक ॲपोसल पॉल हाच्या मिशनरी कार्याचो व्हड आदार जालो. सुरवेक जरी रोमन सम्राटांनी ह्या धर्माक खर विरोध केलो तरी उपरांत सम्राट कॉन्संटायन द ग्रेट हाच्या काळांत (इ. स. 313त) रोम साम्राज्यांत ख्रिस्ती धर्माक मान्यताय मेळ्ळी. सद्याच्या काळांत संवसारभर ह्या धर्माची उपासना चलता. धार्मीक उपासने वांगडाच, सामाजीक, शिक्षणीक, वैजकी आनी परोपकारी कार्यां ह्या धर्मावतीन संसारभर व्हड प्रमाणांत चलता.

**पुरक नोंद : 1) ईस्टर 2) गूडफ्रायडे 3) ख्रीसमस**

**- सं.**

**ख्रिस्त पुराण :** सतराव्या शतकांतलें. मिशनरी पाद्रीन बरयल्लें रोमी लिपींतले ाठी म्हाकाव्य. हाचो कर्तोइंग्लीश जेजुईट फादर थॉमस टफन्स आसलो. पवित्र बायबलांतल्या पोरण्या आनी त्या करारांतल्या ख्रिस्तीधर्म विचारांचेर आनी जेजू ब्रस्ताच्या जिवीतकार्याचेर हें म्हाकाव्य बरयलां. वसाराचो उद्धार करपी जेजू ख्रिस्ताचें ह्या संवसारांत वप ह्या विशयाचेर हो प्रबंध आपणेन बरयला अशें खासा ा. स्टिफन्सान म्हटलां.

फा. स्टिफन्स, 4 एप्रील 1579 ह्या दिसा लिस्बन गेर्तुगाल) सावन भायर सरून 24 ऑक्टोबर 1579 ह्या सा गोंयांत पावलो. धर्मप्रसारा खातीर देशी भासो शिकप मकें गरजेचे हें जाणा जावन ताणें संस्कृत, मराठी, कोंकणी आनी कानडी आदी भासो शिकून घेतल्यो. ख्रिस्तपुराण' बरोवपाक ताणे मराठी संत साहित्याचो रकायेन अभ्यास केल्लो दिसता.

1614 वर्सा बरयल्लें आनी 1616 वर्सा प्रसिद्द ल्ल्या ह्या म्हाकाव्यांत दोनय खंडांनी मेळून 10962 होंवयो आसात. पयल्या पुराणांत (खंडांत) मंगळूर ालदान्या प्रती प्रमाण 4181 आनी दुसऱ्या पुराणांत 781 व्होंवयो आसात. पयल्या पुराणांत 36 अवस्वर ानी दुसऱ्या पुराणांत 59 अवस्वर मेळून वट्ट 95 वस्वर ह्या ग्रंथांत आसपावल्यात.

पुर्तुगेजाचे राजवटींत, बाटाबाटिच्या काळांत करिस्तांव जावनय जायते जाण घरांत गुपीतपणान हिंदु वदेवतांची पुजा करताले. (खि. पु. अ. 19 व्हों. 52-3) हें आळा बंदा हाडपा खातीर आनी धर्मा विशींच्या ोरणाचो नव्यान विचार करपा खातीर, धर्मपरिशदो रताल्यो. थंय लोकांक तांचे थळावे भाशेंत धर्मशिक्षण दवपाचें थारलें. किरिस्तांव जाल्ल्या लोकांचे धार्मीक तींत बदल जावंचो, नव्या किरिस्तांव धर्मावयली स्रद्धा-क्ती वाडची आनी किरिस्तांव धर्माचें तांचें गिन्यान ाडचें म्हणून, हिंदुंच्या आध्यात्मग्रंथांचे आनी पुराणां-आख्यानांचे परंपरे कडेन लागीं आशिल्लो, भक्तीरसान भरिल्लो 'ख्रिस्तपुराण' हो पुराण ग्रंथ स्टीफन्सान बरयलो.

''ख्रिस्तपुराणा' चे गद्य प्रस्तावनेंत ताणें हें पुराण बरोवपा फाटलो आपलो हेत सकयल्या प्रमाण परगटायला.

''भावार्थिया बरोवया क्रिस्तांवांनो, हे आ पुराणांतु स्वामिया जेझु क्रिस्ता तारकाची कथा लिहिली आहे... तिचे कथेवर उनु समस्तांशी सत्यवंत परमेश्वर व तेआचिया एकुची पुत्रा जेझु क्रिस्ताची ओळखी होवावेया... हे आ सत्यवंत परमेश्वराचिया महावस्तू बरविया जाणावेया करणे तेआचिया पवित्र शास्त्राचा सत्यार्थु समस्तांसी दृश्टांतु होवावेया सर्व मुळारंभी लागुनु सांगावे ऐसे मनी होतें.''

नवकिरिस्तावांची धार्मीक गरज भागोवपाक म्हणून ताणें पयलें ''दोत्रिनां'' बरयलें. पूण ही गरज भागोवपाक ''दोत्रिनां'' उणी पडटा हें कळटकच उपरांत ताणें समग्र अशें ख्रिस्त पुराण बरयलें.

ख्रिस्तपुराणाक परमशास्त्र, शास्त्रस्मृती, देवकथा, देवग्रंथ अशें स्टीफन्सान म्हटलां, आनी तातुंतल्यो कथा पुण्यापावन, पुण्या पवित्र निर्मळ, अतिनितळ, परमपावन आनी कपट नाशिल्ल्यो वाचिल्ल्यान आनी आयकल्ल्यान पुण्याप्राप्ती जातली, महापातकां फिट्टलीं, अविद्येचो नास.... जावन, मुक्तीपद मेळटलें आनी वैकुंठ स्थानाची प्राप्ती जातली अशें आस्वासन ताणें दिलां.

ह्या ग्रंथाच्यो रोमी लिपींतल्यो पयल्यो तीन आवृत्त्यो 1616, 1649 आनी 1654 सालांत रायतुरच्या (रायतूर -गोंय) छापखान्यांत छापून प्रसिद्द जाल्यो. पूण आयज तातुंतली एकय प्रत उपलब्ध ना. मंगळुरच्या वाठारांत स्थायीक जाल्ल्या वंशजां कडल्यान मेळिल्ल्या हात बरपाच्या आदारान, जोसेफ सालदान्य हांणें 1907त रोमी लिपींतली चवथी आवृत्ती प्रसिद्द केली. हीय आयज दुर्मीळ जाल्या. फा. थॉमस स्टिफन्स हांच्या

ख्रिस्तपुराणाचीं देंवनागरी लिपींत बरयल्लीं हस्तलिखितां लंडनांतल्या 'स्कूल ऑफ ओरिएंटल स्टडीज' मदल्या मार्सडन कलेक्शन (संग्रहांत) सांपडल्यांत अशें टाईम्स ऑफ इंडियाच्या संपादकाक जस्टिन ई अॅबट (Justice E. Abbot) हाणे 17 ऑगस्ट 1925त बरोवन कळयलें. हे प्रतींत पुर्तुगेज भाशेंतल्या धर्मशास्त्रांतल्या आनी ख्रिस्ती धर्माविशिंच्या आनी कोंकणी भाशेंतल्या उतरां बदला संस्कृत आनी मराठी उतरांचो उपेग केला. मार्सडन प्रतिचो वापर करून आनी सालदान्य प्रतिच्या आदारान प्रा. शांताराम बंडेलु हाणें संपादीत केल्ली ख्रिस्तपुराणाची पयली देवनागरी लिपींतली आवृत्ती 1956त पुणे हांगच्या प्रसाद प्रकाशनान प्रसिद्द केली. तर फा. करिदाद द्रागो, एस. जे हाणे संपादीत केल्ली ख्रिस्तपुराणाची देवनागरी लिपींतली आवृत्ती 1996त पोप्युलर प्रकाशन मुंबय हाणें प्रसिद्द केली. देवनागरी लिपींतली आनी फकत मार्सडन प्रतीचेर आदारिल्ली ख्रिस्तपुराण आवृत्ती तिच्या अर्वाचीन मराठींतल्या गद्य अणकारा सयत फा. नेल्सन फालकांव, एस. डी. बी. हाणे संपादीत केल्ली ऑगस्ट 2009त ती ख्रिस्त ज्योती पब्लीकेशन-बंगळूर हाणे प्रसिद्द केली.

ख्रिस्त पुराणाचो आरंभ, भारतीय परंपरेंतल्या नमन, मंगलाचरण, देवस्तुती, संत महंतांची स्तुती, ग्रंथ पुर्ती खातीर दैवी पालवाची प्रभू कडेन मागणी असो आसा. ख्रिस्तपुरणांत जेजुच्या कांय नावांचें देशीकरण केलां. देखीक स्वामी, जगद्गुरू, विश्वगुरू, करूणाकर, भवसागरीचें तारूं, ज्ञाननिधी, सर्वज्ञ, चक्रवर्ती. तशेंच सप्तसागर, भवसागर, तारू, तारक, यज्ञ, होम, अडलेचा सारथी, यमपुरी, यमकुंड, अमृत, वैकुंठ, वैंकुठनाथ, वैंकुठपती ह्या धार्मीक संकल्पनांचे देशीकरण जालां.

मराठीच्या संत साहित्याचे अभ्यासक शं. गो. तुळपुले हाणे ख्रिस्त पुराणा विशीं अशें बरयलां. "ख्रिस्ती धर्मतत्वाक सोडिनासतांना, हिंदू मनाक पटत आसो पौवात्यवेश ख्रिस्त चरित्राक दिवपाची अवघड कामगिरी स्टिफन्सान येसस्वीरितीन केल्या. भितली मूर्ती तितकी जेजू ख्रिस्ताची आनी हेर मंदिराचो सगळो थाट हिंदु पद्दतीचो अशी ह्या पुराणाची रचना आसा."

ख्रिस्तपुराणाची भास अधीकृतपणान मराठी आसा हातूंत दुमत नासलें तरी त्याकाळार सर्वसामान्य मनशाक सारकी अवगत नाशिल्ले मराठी भाशेंतलो मजकूर बरे तरेन समजुचो म्हणून, तातूंत मदीं मदीं कोंकणी उतरां (ब्राह्मणी भास) घालून स्टिफन्सान कवित्त्व सोपें केलां.

ख्रिस्त पुराणाचे प्रस्तावनेंत फादर स्टिफन्सान ते संबंदी स्पश्टीकरण दिलां ते अशें :

"हें सरूव मराठिये भासेन लिहिते आहे. हे देसिंच्या भासां भितुर ही भासा परमेश्वराच्या वस्तु निरोपुंसी योग्य ऐसी दिसली म्हणऊनु. पण सुध मराठी मधिमा लोकांसी नकळे. देखुनु, ह्या पुराणाचा फळु बहुत जणांसि सुफळु होऊंसी, काय केलें, मागिल्ल्या कवेश्वरांचीं बहुतेकें अवघडें उतरें सांडुनु सांपुयेयां कवेश्वरांचिये रितु प्रमाणें अनियेक सोंपी ब्राह्मणाचे भासेचीं उतरें ठायीं ठायीं मिसरित करून कवित्व सोपें केलें."

सध्याक ख्रिस्तपुराणाच्या कोंकणी अणकाराचो वावर श्री सुरेश गुं. आमोणकार करता.

**-सुरेश गुंडू आमोणकार**

**ख्रिस पेरी :** एक नामनेचो संगीतकार आनी गीतकार (कांतारां रचपी). ताचें पुराय नांव ख्रीस पेरैरा. गांव मडगांव-गोंय. उपरांत तो मुंबय आनी दुबय स्थायीक जालो. ताचें घराणें संगीतकाराचें आसलें. ताचो एक भाव जॉ पेरी ट्रंपेट वाजयतालो आनी दुसरो भाव पावल पेरी सॅक्झाफोन वाजयतालो.

ताणे मुंबय शारांत आपलो एक संगीत पंगड केल्लो आनी थंयच्या खाजगी तशें भौशीक कार्यावळींनी आपल्या सांगात्याक घेवन तो संगीताच्यो कार्यावळी सादर करतालो. त्या काळांत ताच्यो कार्यावळी खुपूच लोकप्रिय जाताल्यो.

ख्रिस पेरीन आदीं कांय तियात्र बरयल्यात. कांय



मुंबयत ताणें एम बॉयर, सी आल्वारीस सारक्या नावाजत्या गायकांच्या कांतारांच्या रिकॉर्डींक संगीत दिलां. उषा उत्तप हिका घेवन काडिल्ल्या कोंकणी कातारांच्या आपल्या रिकॉर्डींक ताणें संगीत दिलां. ताणें 'भुयारांतलो मनीस' ह्या कोंकणी सिनेमाची निर्मिती केल्या. ह्या सिनेमांतल्या आशा भोंसले हिच्या गीत-गायनाक संगीत दिलां. 'त्रिशूल', 'कभी कभी' ह्या हिंदी सिनेमांच्या संगीतांत ताचो सहभाग जाला.

गोंयांत तशें मुंबय ताणे नवोदीत वादकाक मार्गदर्शन करून मुखार सरपाक आदार दिला. दुबय स्थायीक जातकच ताणें थंय संगीताचें शिक्षण दिवपी विद्यालय सुरू केल्लें.

- सं.

नयात्रांनी विनोदी भुमिका केल्यात आनी तियात्राचीं नातारां बरोवन ताका संगीत दिलां. ताणे बरयल्ले तियात्र नशे आसात : 1) नशिबांतलो नवरो, 2) जुरामेंत, 3) त्रेद मोग करप्यांचो, 4) बँड मास्टर, 5) लॉब पाद्रिचो, ›) तो मरोंक ना. तियात्रांक बरीच वर्सां जावंनय तियात्र हेर ाज्यांतल्या प्रादेशीक नाटकां परस फाटीं उरल्या हाची ाका खंत आसली.

तियात्र सोडून फकत संगीत कार्यावळींचो वावर करतांना त्या काळांतली मुंबयची गायिका लॉर्ना (लॉर्ना कालदेरो) हिचे कडेन ताची वळख जाली. ताणे तिचे गूण ारखून तिका कोंकणी संगीत मळार हाडली.

उपरांत गायिका लॉर्ना आनी गीतकार, संगीतकार ख्रिस पेरी हे जोडयेन, मुंबय तशें गोंयांत कोंकणी संगीत मोग्यांक संगिताच्यो सुरबूस कार्यावळी दिल्यो. ते वरवीं दोगांचेंय नांव कोंकणी मनशांच्या घराघरांत पावलें. 'नवरो म्हजो देवचार' आनी 'तूं आनी हांव' ह्या संगीत कार्यावळींनी कोंकणी संगीत मळार क्रांती घडयली. देश-परदेशांत ताच्या कार्यावळींक खूप मोटो प्रतिसाद मेळ्ळो.

**ख्रिसमस (नाताळ) :** ख्रिश्चन धर्माची एक व्हड परब. ख्रिश्चन धर्माचो संस्थापक येसू ख्रिस्ताचे जयंतीची ही परब.

ख्रिसमस हें ख्रिसमास ह्या मूळ उतराचें घोळणुकेंत उरिल्लें रूप. ख्रिसमास हें उतर 'ख्रीस्त' आनी 'मास' ह्यां उतरांतल्यान घडलां. ताचें मूळ 'ख्रिस्तॉस' ह्या ग्रीक उतरांत आसा. ताचें भूतकाळांतलें धातुविशेशण 'ख्रीजॉं' अशें जाता. ख्रीजॉं म्हणजे माखूंक, अभिशेक करूंक आनी 'ख्रिस्तॉम' (ख्रीस्त) म्हणजे माखेलेलो, अभिशेक जाल्लो असो अर्थ जाता.

पवित्र पुराणांतल्या पोरण्या तशें नव्या कराराप्रमाण देवाचे कृपेन अभिशेक जाल्लो वा माखलेलो देवपूत्र म्हणजे स्वामी जेजू (येसू ख्रीस्त) असो ख्रिस्ती भावार्थ आसा.

'मास' हें इंग्लीश उतर, लॅटीन 'मिस्सा' ह्या उतरांतल्यान आयलां. ताचें कोंकणींत 'मीस' जालां. मीस म्हणजे ख्रिस्ती धर्माचें बलीदान, जंय स्वामी जेजू उंडो आनी दाकांच्या रोसारूपान हाजीर आसता अशें समजतात. 'मीस' हें उतर सर्वसामान्यपणान प्रार्थने खातीर वापरतात आनी ख्रिसमस ह्या उतराचो संदर्भ जेजुच्या



गोठो

जल्माच्या मिसाक लागता. म्हणजेच जेजुच्या समारंभाक, ख्रीस्त जयंतीक ख्रिसमस म्हणटात.

स्वामी जेजूचो जल्म बेथलेहेम नगरांत जुडिया प्रांतांत, आतांच्या इसरायल देशांत (आदल्या रोमी साम्राज्यांत) जालो. ताच्या जल्माचे तारखे संबंदी विद्वानांमदीं मतभेद आसात. ख्रिस्ती युगाच्या आदल्या आठव्या ते सव्या वर्सा भितर ताचो जल्म जावंये अशें विद्वान सांगतात. पयल्या दोन तीन शेंकड्यांनी ख्रीस्त जयंती सुवाळो रोम शारांत (इटली) सुरू जालो आनी ल्हव ल्हव करून आख्ख्या जगार पावलो. हो सुवाळो डिसेंबराचे 25 तारखेक करतात.

ख्रिस्ती धर्म रोमाक पावचे आदीं ह्या शारांत डिसेंबराचे 25 तारखेक अजिंक्य सुर्य-जयंती (नातालिस सॉलिस इन्विक्ती) मनयताले. ख्रिस्ती धर्म रोमाक पावतकच, तेच तारखेक ख्रीस्त जयंती (नातालिस दॉमिनी) मनोवंक लागले. हाचे वयल्यान ख्रिसमस हे परबेक नातालाची परब म्हणटात.

ख्रिसमस परब मनोवचे पयलीं म्हयनोभर जेजुची मनीसपणाची शिकवण मानून ते प्रमाण वागून, मनशुद्धी करून ख्रिस्त जयंतीक येवकार दिवपाची तयारी करतात. 24 डिसेंबराचे सांजे, 25 वेर मध्यानीर, फांतोडेर आनी त्या दिसा अशीं चार मिसां करतात. परबे उपरांत दोन सप्तकांभर जेजुच्या जल्माचेर, भुरगेपणाचेर नियाळ करप जाता आनी जयंतीची परब सोंपता. हे परबेचो संदेश भोव मोलादीक आसा. मोग, भावपण, एकचार, खुशालकाय, दुबळ्यांक, निराधाऱ्यांक आदार असो तो संदेश आसता. देखून हे परबेक भेटो दिवप आनी सगळ्यांच्या जिवितांत खोशी हाडप ही कार्यावळ जाता.

ख्रीस्त जयंतीचे हे परबेक कांय वस्तू करतात. तातूंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो अशो आसात.

**गोठो :** इगर्जींनी आनी घरांनी गोठ्याची प्रतिमा तयार करतात. माती घालून गोठ्याची जमीन आनी तणापासून गोठ्याची आकृती उबी करतात. लुकान बरयल्ल्या शुभवर्तमानाप्रमाण जेजू गोरवांच्या गोठ्यांत जल्माक आयिल्लो. ताचें यादस्तीक म्हणून हो गोठो करतात. ह्या गोठ्यांत बाळक जेजुची, ताची आवय मोरयेची, संत जेजुची, देवदुताच्यो, गोरवांच्यो तांच्या राखण्यांच्यो मुर्त्योदवरतात. आधुनीक काळांत गोठ्यांचे अशे सजावटीची सर्त आयोजीत करतात.

**नखेत्र आनी दिवे :** संत मातेवाच्या शुभवर्तमानांप्रमाण जेजू जल्मल्लो तेन्ना एका आगळ्या झगझगाचें नखेत्र मळबांत उदेल्लें. म्हणून जेजू



सांताक्लॉज

संवसाराचो उजवाड आसा हें दाखोवंक नखेत्र आनी दिवे पेटयतात.

**ख्रिसमस ट्री :** पवित्र पुराणाच्या पयल्या पुस्तकाप्रमाण मनीस कुळयेचो आद्य आवय-बापूय परमेश्वरान मनाय केल्ल्या झाडाचें फळ खाता आनी पातकांत पडटा. संत पावलू प्रमाण, जेजू आमचो तारक जावन मनीस कुळयेक ह्या पातकांतल्यान सोडयता. हें दाखोवपाची कुरू म्हणून हें ख्रीस्त जयंतीचे झाड उबें करतात. हें झाड सुरूची खांदी उबी करून तिचेर बेगडी-कागदी ल्हान नखेत्रां, रंगी बेरंगी गुळे, घांटी हुमकळावन तिका सजयतात. हालिंच्या काळांत बाजारांत विकरेक आशिल्लें प्लास्टिकाचें झाड ख्रिसमस ट्री म्हणून उबे करतात.

**ख्रीस्त जयंती गितां (ख्रिसमस कॅरलस) :** हीं लोक भक्ती गितां. तीं पयलीं लॅटीन भाशेंत 5व्या शेंकड्यांत सुरू जालीं आनी उपरांत हेर भासांनी पावलीं. कोंकणी भाशेंत जायतीं अशीं गितां आसात. हालींसरा अशा गीत-गायनांची सर्त आयोजीत करतात.

**सांताक्लॉज (संत क्लाऊस) :** संत निकोलाऊस ह्या संताचें हें मोटवें नांव. चवथ्या शेंकड्यांतलो हो एक दंतकथीक संत. ताची परब डिसेंबराचे 6 तारखेक जाता. ताणे एका दुबळ्या मनशाच्या तीन धुवांचें लग्न करूंक पोतयो भरून दुडवाचें दान केलें अशी काणी सांगता.

सांताक्लॉज हाका ख्रिसमस फादर अशेंय म्हणटात. ख्रिसमसचे रातीं आनी ख्रिसमसच्या हेर कार्यावळींनी सांताक्लॉज जावंन कांय जाण येतात. ताची आंगलोट मोटी आसता. (मुद्दाम तशी करतात). पिकिल्लें लांब खाड, तोंडाक रूपडें, तांबडे न्हेसण, माथ्याक ल्हंवेचो धवो गोंडो आशिल्ली तांबडी तोपी, हातांत दांडो, फाटकुळेर मिठायेन भरिल्ली पोती, कंबराक घांट अशे तयारेन सांताक्लॉज जाल्लो मनीस कार्यावळींनी मुखेल सोयरो कसो बोवाळटा. ताच्या फाटल्यान येतल्या भुरग्यांक तो आपले पोतयेंतली मिठाय वांट्टा.

ख्रिसमस (नाताळ) ही किरीस्तांव लोकांची व्हड उमेदिची परब. हे परबेक किरीस्तांव लोक धार्मीक विधी, नखेत्र लावप, ख्रीसमस ट्री उबारप, केक, धोदोल, बेबिंका, दोस सारकें खाण करून मनयतात.

**- फां. मोउजीन्यु द आताईद**

**पुरक नोंद : ख्रिस्त येसू**

**खिळखिळो :** भुरग्याचें एक खेळणें. ह्या खेळण्याक हातांत धरपाक एक वाटकुळी मूठ आनी मुठिचे दोनय वटेन दोन पोकळ गोल आसता. ह्या गोलांनी फातराचे, धातुचे वा प्लास्टिकाचे कुडके भरतात. खुळखुळो हालयलो की ह्या गोलांतले

कुडके गोलांतल्या भागाचेर आपटून ताचे वरवीं खिळखिळ असो आवाज येता. ताचे वयल्यान ताका खिळखिळो अशें नांव पडलां. खिळखिळ्यांतलो हो आवाज आयकुपाक भुरग्यांक आवडटा. म्हणून भुरग्यांक खेळोवपाक वा भुरग्याचें रडप थांबोवपाक भुरग्याच्या हातांत खिळखिळो दितात. भुरग्यान खिळखिळो धरलो ना जाल्यार जाण्टीं मनशां खिळखिळो हालोवन भुरग्याचें मनोरंजन करतात. आदल्या काळांत पाळण्या वयर हेर खेळण्यां वांगडा खिळखिळो बांदताले.

पारंपारीक खिळखिळो दोन गोलांचो आनी धातुचो आसलो. आतां एका गोलाचो मेळटा. तेच परीन आतां प्लास्टिकाचे भोव आकाराचे आनी भोव रंगांचे खिळखिळे मेळटात.

आधुनीक काळांत पारंपारीक खेळणी उणीं जायत गेल्यांत. तांचे सुवातेर आतां आधुनीक बनावट बनावटिचीं आनी कोर्द वा बॅटरेचेर चलपी खेळणीं आयल्यांत. तांचे मदीं कोर्दीर आनी बॅटरेर चलपी खिळखिळेय आसात. आतां तर इलेक्ट्रीकल आनी इलेक्ट्रॉनीक खेळणीं व्हड प्रमाणांत बाजारांत आयिल्ल्यान आदलीं खेळणी फाटीं पडल्यांत. तरी लेगीत उण्या प्रमाणांत जायना खंय खंय खिळखिळो आयज दिसता.

-सं.

**खीर :** तांदूळ, शेवयो वा हेर जिन्नस शिजोवन तातूंत दूद वा नाल्लाचो रोस आनी गॉड वा साकर घालून केल्ल्या गोडशाक खीर अशें म्हणटात. हातूंत जे जिन्नस घालतात त्या त्या जिनसां वेल्यान ते खिरीक नांव दितात. देखीक गंवाचो कणो घालून केल्ले खिरीक 'सोजी' म्हणटात. चण्यांची दाळ घालून केल्ल्या गोडशाक 'मणगणें' म्हणटात. ह्या दोनूय खिरींनी चड करून नाल्लाचो रोस आनी गॉड घालतात. तांदूळ घालून केल्ले दुदाचे खिरीक गोंयांत 'पायस' म्हणटात. हाचे भायर कणंगा, कोकणदुदी, केळीं, शेवयो वा शाबुतांदूळ हे जिन्नस घालून खीर करतात.

**खीर करपाची रीत :** कोंकण दुदयाची खीर करपाची आसल्यार तांची साल काडून तो किसून घेवचो. कणगांची खीर करपाची आसल्यार कणगां बरीं धुवन पयलीं शिजोवन घेवंचीं आनी तीं सोलून वाटकुळीं शिनचीं. कोंकणदुदी तुपांत तळसून, थोड्याशा उदकांत शिजोवन तातूंत आटयल्लें दूद वा नाल्लाचो रोस घालचो.

दुदांत शिजयल्यार चड करून साकर घालप आनी नाल्लाच्या रोसांत शिजयल्यार गॉड घालप जाता. उपरांत तातूंत हळदिचें पान वा वेलची आनी मीठ घालून शिजोवचें.

वयर सांगिल्लो नाल्लाचो रोस, दूद, साकर वा गॉड, हळदिचें पान, वेलची ह्या जिन्नसा वांगडा कणगां कापां, केळ्या कापां, तुपान तळशिल्ल्यो शेंवयो घालून ते ते तरेची खीर करतात.

-सं. मं.

**खुटयाळें :** कपडे हुमकाळपाची वेवस्था केल्लें उपकरण. खुटयाळ्याक खूब खुटयो आसतात. ताचे वयल्यान ताका तें नांव पडलां. खुटयो आशिल्लें हें खुटयाळें घराचे वण्टीर खिळ्यांनी बसयतात.



ुटयाळ्याच्या खुटयांचेर कपडे हुमकळटात. अशे मकळायल्ल्या कपड्यांक मिरयो पडनात आनी ते पर्थून ापरपाक बरे पडटा.

पारंपारीक खुटयांळीं लाकडाचीं आनी रंग रंगयाळीं ासून तांकां दोडिची वेवस्था आसता. ही वेवस्था ाशिल्ल्यान तीं वण्टीचेर जाय तितकीं पसरूंक मेळटात. ांच्या दोडींतल्यान जे चौकोन घडटा त्या चौकानाच्या दर का कोनार वाटकुळी लाकडी खुटी बसयतात.

खुटयाळें ही आदले एकोडे खुटयेची सुदारीत वस्था. आदल्या तेंपार एकोडी लाकडी खुटी घराचे ाण्टीर वण्टीक बुराक काडून बसयताले आनी ताचेर ापडे हुमकळटाले. ह्यो एकोड्यो खुटयो स्थीर ासताल्यो. खुटयाळें एका जाग्या वयल्यान दुसऱ्या ाग्यार हालोवंक मेळटा.

हालीं तेंपार खुटयाळ्याची सुवात हँगरान घेतल्या. ातां चडशे लोक त्रिकोनी आकाराचीं हँगरां कपडे ुमकळावपाक वापरतात. खुटयाळ्या परस हँगराचेर ापडे चड वेवस्थीत उरतात. तेभायर हँगर एका जाग्या ायल्यान दुसऱ्या जाग्यार हालोवपाक खुटयाळ्या परस ोपें आसता. तेच परीन एका हँगराचेर एक कपडो ुमकळावपाक मेळिल्ल्यान तें खुटयाळ्या परस चड ोयिचें जाता. वतांत कपडे सुकोवपाच्या कामांतय ँगराचो बरो उपेग जाता.

मध्याक खुटी, खुटयाळा परस आल्युमिनियम, ्लास्टिक तशेंच लाकडी हँगराचो वापर लोक चड ारतात. आदल्या कांय घरांनी आयज लेगीत खुटयाळीं ांय खंय दितात. एक फॅशन म्हूण आधुनीक घरांनी ्लास्टिकाचीं खुटयाळीं वापरतात.

-सं.

**खुटावणी** : न्हंयतलें नुस्तें धरपाची एक पारंपारीक पद्दत. हे पद्दती प्रमाण खूंट आनी जाळें हांच्या आदारान न्हंयतलें नुस्तें धरतात, म्हणून हिका खुटावणी म्हणटात. न्हंयक भरती येता तेन्ना न्हंयचें उदक न्हंयचे देगेक पावता. उदका वांगडा न्हंयतलें नुस्तें न्हंयचे देगेक येता. अश्या वेळार न्हंयचे देगेभायर काय अंतराचेर देगेक समांतर धरून लाकडांचे खुट उबे करतात आनी ताका जाळें बांदतात. जाळ्यांचीं दोनय तोंकां न्हयचे देगेक बांदतात आनी ताची सकयली देग जमनीत मुंगरता.सुकतेर जेन्ना उदक न्हंयचे देगे पसून सकयल देवता तेन्ना खुटावणें भितल्लीं जमीन सुकी पडटा. आनी भरतेर खुटावणें भितर आशिल्लें नुस्तें जाळ्याचे आडवणेक लागून नुस्तें धरतल्याक मेळटात. केन्ना केन्ना एकदां उबी केल्लीं खुटावणी तशीच दवरतात आनी दुसरे भरते वेळार उदक आनी नुस्तें दर्या देगेर पावचे म्हणून जाळ्याची सकयली देग मिटरभर उंचायेर बांदून दवरतात. भरतेचो भार सोपलो म्हणटकच ही सकयली देग खुटांवयल्यान सकयल जमनीर सोडटात आनी आदल्या वरीच न्हंयचे देगेक आयिल्ल्या नुस्त्यांक आडावन दवरतात. सुकतेचें उदक सकयल देवलें म्हणटकच खुटावणेंतलें नुस्तें आडावन उरतात.

केन्ना केन्ना एका जाग्या वयले खूंट काडून दुसऱ्या जाग्यार लावन थंय खुटावणी उबी करतात.

-सं.

**खुटी : पळयात → खुटयाळें**

**खुंटी : (देवता)** : एक देवता. नवो गांव वसयतना, ज्या जाग्यार आपली अधिकार म्हूण खूण दाखोवपा खातीर आनी गांवची शीम रेखपाक खूंट पुरताले. हाकाच खुंटी (देवता) अशें म्हणटात.

पुर्विल्ल्या काळार नवो गांव वसवपाचो आसल्यार मोट्या अधिकारान आपली खूण दाखोवपाक आनी गांवची शीम रेखपाच्या हेतान 'खुंटी' मारपाची चाल आशिल्ली. उपरांत गांवची राखण करपाच्या भावार्थान तिका देवपण पाप्त जालें. आज एकादी शीम रेखपाची आसत तर खुंट्यो वा फातर पुरिल्ले दिसतात. हांकां

'नीस' अशेंय म्हणटात.

'खुंटी' ह्या उतराचें मूळ उतर 'खूंट' म्हणजे एक लाकडाची बडी. तिचें एक तोंड मोटे तर दुसरें तोंड तोंकाद आसता. ह्या तोकाद तोंडानूच खूंट/खुंटी जमनींत पुरतात. पाशाणयुगांत ह्यो खूंट / खुट्यो फातरांच्यो आसताल्यो.

गोंयांत जायत्या सुवातिंनी 'खुंटीमायेचें' स्थान आसा. तें पाशाणी रुपांतूच आसता. म्हणून खुंटीमायेची परंपरा, पाशाणयूग काळा कडेन संबंदीत आसा अशें मानप जाता.

कांय गावांनी एका परस चड खुंटयो आसता. अशा खुंटयां मदली एक खुंटी 'म्हालखुंटी' आसता. गांवच्या म्हाल पुरसान सगळ्यांत पयलीं हे खुंटयेची स्थापना केल्ली. म्हणून तिका 'म्हालखुंटी' म्हणटात.

खुंटये भोंवतणच्या वाठाराक 'खुंटयांत' म्हणटात. खुंटयेच्या नांवांन लांबट असो पाशाणी फातर जमनींत पुरतात, तर कांय कडेन शिमिटाची घुमटी बांदता.

खुंटयेचें देवस्पण करपाचो अधिकार गांवकाराक आसता.

खुंटयेक 'व्होट' सांगून घेवपाची पद्दत कांय गांवांनी आसा. तसोच पांच वातींचो दिवो आनी पांच पानांचो विडो दिवपाचीय आंगवण आसता. नव्या लग्न जाल्ल्या जोडप्यान जोडयेन वचून खुंटयेक व्होट दिवपाची चाल गांवांनी आसता.

खुंटयेच्या वाठारांत कुकड, दुकर वचपाक फावना तशेंच भश्टे बायलेनय त्या वाठारांत वचपाक फावना. तशें घडत तर ती मागीर गांवाचेर कोपता आनी गांवांत रोग-पिडा भितर सरता असो समज आसा.

गोंयांत खुंटयेची परंपरा ही गावडो आनी नायक समाजाची. पूण हेर समाजांतले लोक लेगीत तिका गांवचें ग्रामदैवत ह्या नात्यान मानतात.

-सं. मं.

**खुब्या दांगर : पळयात → कालूं**

**खुब्या सुकें : पळयात → कालूं**

**खुबो : पळयात → कालूं**

**खुरीस :** ख्रिस्ती युगा आदली एक कुरू. खुरसाचे चार कोनशे संवसाराचे चार कोनशे म्हणजे आख्खो संवसार सुचीत करता. स्वस्तीक रुपांतलो खुरीस सूर्याची प्रतिमा दाखयता. कांय संस्कृतायांनी तिका रचना-शक्त मानल्या. ते भायर खुरीस हें मरणा-ख्यास्तिचें हत्यार आसा. जायत्यां देशांनी, पाड्या खुन्यांक खुरसार हुमकळावन जिवेशीं मारताले. स्वामी जेजू निरपराधी जावनय, खुरसार मेलो.

ख्रिस्ती युगाचो पांचवो शेंकडो मेरेन ख्रिस्ती लोक खुरसार मारिल्ल्या स्वामी जेजुची मूर्त वा चित्र काडिनासले आनी चवथ्या शेंकड्या मेरेन मेकळो खुरीस लेगीत पितराय नासले. एक कारण म्हणजे स्वामी



जुच्या मरणाचें तें हत्यार आसलें. दुसरें कारण असलो खुरीस पळोवन तो घालपी मनीस ख्रिस्ती मनीस आसा तें ख्रिस्तीच्या दुस्मानाक कळटलें. तिसरें कारण खुरीस उबारल्यार ताका दुस्मान मोडून उडयतलो आनी मागीर तो भशटतलो हो भंय आसलो.

ख्रिस्ती युगाच्या चवथ्या शेंकड्यांत ख्रिस्ती धर्माक रोम साम्राज्यांत सत्ता, शांती आनी हक्क मेळ्ळे आनी तांची पिडापीड बंद जाली. तेन्ना लिपचोरयां चलपी, ख्रिस्ती धर्म उक्तेपणान मुखार आयलो. ख्रिस्ती मनीस, खुरीस आनी ल्हव ल्हव करून खुरसार मारिल्ल्या स्वामी जेजुची मूर्त बांदप, चितारप व खुरीस गळ्यांत घालप, करूंक लागलो. अशे तरेन खुरीस धार्मीक कुरू जाली.

खुरसाचेर स्वामी जेजू वळवळून मेल्ल्यान खुरीस ही ताच्या कश्टां-मरणाची कुरू जाली. तेच वांगडा खुरसार मेल्लो जेजू परतून जितो जाल्ल्यान खुरीस जेजुच्या जैतेपणाची आनी तातुंतल्या जैताचीय कुरू जाली. देखून जायते फावट, खुरसार परजळीत, जैतीवंत, जिवो जावन सर्गार चडटल्या जेजुची प्रतिमा रेखाटतात. तशेंच बरेच फावट खुरीस फुलांनी आनी हेर शृंगारांनी नटयतात.

खुरसाक दोन आडयो आसता. एक उबी आनी दुसरी आडवी. ह्यो आडयो एकमेकांक छेद करतात. खुरसाचे विविध आकार आसात. गोंयच्या लोटले गांवात ॲनसेस्ट्रल गोवा- बीग फूट नांवाचें एक वस्तूसंग्रहालय आसा आनी थंय सुमार सत्तर जिनसांनी मांडिल्ले पांचशें वयर खुरीस आसात.

ख्रिस्ती धर्माची कुरू म्हणून खुरसाचो वेगवेगळे सुवातेर आनी प्रसंगार वेगवेगळो वापर जाता. स्वामी जेजुचें बलिदान (मीस) भेटयतात ते वेदीर खुरीस दवरता. ही पद्दत पांचव्या शेंकड्या सांवन सुरू जाली. जेजुच्या कश्टां-मरणाची कुरू कशी ह्या खुरसा कडेन पळयतात. कसलेय धार्मीक मिरवणुकींत सगळ्यांत मुखार जैताची कुरू म्हणून खुरीस आसता.

ख्रिस्ती मंदिरांच्या (इगर्ज, कपेल) प्रवेशद्वाराच्या माथ्यार मंदिराचे उंचाये वयर एक व्हडलो खुरीस बांदतात. तशेंच भौशीक ख्रिस्ती इमारती, खाजगी घरां हांच्या माथ्यार वा तांच्या आंगणांत खुरीस उबो करतात. खुरसाचे कुरवे वरवीं हीं बांदकामां ख्रिस्ती लोकांची म्हणपाची आपशींच वळख जाता.

ख्रिस्ती मनीस रावत्या त्यां गांवां -शारांनी, तशेंच रस्त्यांच्या चौकांनी वा तत्सम सुवातिंनी खुरीस उभारतात. थंय थारावीक काळांत मिसाची कार्यावळ जाता. रस्त्यार वा उदकांत अपघाती मरण आयलें तर अशे सुवातेर अपघात घडचो न्हय म्हणून थंय खुरीस उबो करतात.

दर एका ख्रिस्ती घरांत मुखेल बसकेचे सुवातींत वण्टीर खुरीस बसयतात. थंय घरचे लोक दिसाक एक फावटी तरी प्रार्थना करूंक एकठांय येतात. घराची बुनयाद घालतांना, बुनयादिच्या फातरा पोंदा भांगराचो एक ल्हान खुरीस दवरतात. दर एक ख्रिस्ती मनीस आपल्या गळ्यांतले सरपळेक खुरिसाचें लॉकेट घालता. कांय जाण खुरीस आपल्या हातार गोंदून घेतात.

मीस वा दुसरी खाजगी तशी भौशीक प्रार्थना खुरसाची कुरू करून सुरू जाता आनी सोंपता. ही कुरू करपाच्यो दोन तरा आसात. एके तरे प्रमाण उजव्या हाताच्या आखाण्यान कपलार, ओंठार आनी हड्ड्यार अशें तीन ल्हान खुरीस काडप. आनी ते काडटनां "संत खुरसाचे कुरवेन, निवार आमकां, आमच्या देवा, आमच्या दुस्मानांतलीं" अशीं उतरां म्हणप. आनी तो काडटनां, "बापायचे आनी पुताचे आनी पवित्र आत्म्याचे नावीं. (हात जोडून) आमेन. म्हयमा बापाक आनी पुत्राक आनी पवित्र आत्म्याक. आदीं, आतां आनी सदां -सदांकाळ. आमेन".

आमेन हें उतर हिब्रू भाशेंतलें ख्रिस्ती धर्मीक उतरावळींत आयलां. आमेन हाचो अर्थ : हय, खातरेन हांव सत्य मानतां. बाप, पूत आनी पवित्र आत्मो भव - पवित्र त्रित्वेचे तेग जाण, पण एक देव.

**- फा. मोउजीन्यु द आताईद.**

एका उब्या लाकडाचेर दुसरें आडवें लाकूड बसोवन तयार केल्ले हें बांदावळीक खुरीस अशें म्हणटात. हो खुरीस किरिस्तांव धर्माचें पवित्र प्रतीक आसा.

खुरीस, किरिस्तांव धर्म अस्तित्वांत येवंचे आदीं सावन आशिल्लो. जेन्ना जेजू क्रिस्ताक खुरसार मारलो, तेन्नासावन खुरीस किरिस्तांवपणाची कुरू जाल्ली.

खुरीस इ. स. आदीं सावन आशिल्लो हाचो पुरावो चीन, युरोप, पेरू (अमेरिका) आनी भारत ह्या देशांनी मेळटा. भारतांत आनी चीनांत स्वस्तीक मेळटा. तीं स्वस्तिकां सुर्याची खूण अशें म्हणटात. ह्या स्वस्तिकांक क्रूस गामाता म्हणटात. चार ग्रीक भाशेच्या (गामा) अक्षरांनी तें घडिल्ल्यान ताका तशें नांव मेळ्ळां.

ताव नांवाचो आनीक एक खुरीस आसा. तो ग्रीक ताव 'टी' अक्षरा भशेन दिसता. इजिप्त आनी सिरियांत असल्या ताव खुरसाचे सुवातेर एक आकडो घालताले. ताका क्रूस अन्साता म्हणटात.

रोम शार : रोम शारांत चोराक गुन्यांवकाराक खुरसार जिवेशीं मारपाची ख्यास्त दिताले. खुरीस तीन तरांचें आसताले. पयलो क्रूस कोमीसा (T), दुसरो क्रूस इमिसा (+) जाल्यार तिसरो क्रूस देकुसाता (X). असल्याच खुरसार भाग्यवंत आंद्रे जेजुच्या आपोस्तोलाक मारिल्लो.

जेजूचो खुरीस क्रूस इमिसा आशिल्लो. रोमाच्या कायद्याप्रमाण एका उब्या लाकड्यांचेर दुसरें लाकूड (पाटीबुलूम) बसयताले. ह्या आडव्या लाकडाचेर हात बांदताले वा खिळे मारताले आनी मागीर हें आडवें लाकूड उब्या लाकडाचेर वयर काडटाले. तशेंच ह्या उब्या लाकडाचेर पांय बांदताले वा पांयाक खिळे मारताले.

खुरसाची ख्यास्त जाका जाताली ताका उगडो करून जेरबंदाचो मार दिताले. उपरांत ताच्या भुजांचेर आडवें लाकूड (पाटीबुलूम) घालून तें ख्यास्तीच्या जाग्यार व्हरताले. ताव खुरीस आसल्यार त्या खुरसार गुन्यांवकाराक चडयताले आनी उपरांत त्या खुरसाचेर बांदताले वा मारताले.

**किरिस्तांव धर्मांत खुरीस :** पयल्या तीन शतमानांनी किरिस्तांव लोक सभेमुखार खुरीस हाडिनासले. रोमच्या साम्राज्याखाला आशिल्ल्या गांवांनी खुरीस हें ख्यास्तीचें हत्यार आशिल्लें. पूण जेजू ख्रिस्त खुरसार मेल्ल्यान,खुरीस धर्माचें प्रतीक जालें.

तिसऱ्या शतमानांत खुरसाक सभेमुखार हाडून मान दिवंक लागले. कोंस्तातीन हो राजा माक्सीनतियूस हाचे लागीं झुजताना ताका मळबांत खुरीस दिश्टी पडलो. खुरसा वांगडाच ताणें हे कुरवेन तूं जिखतलो हीं ग्रीक भाशेंतलीं उतरां पळेलीं. उपरांत इ. स. 312 वर्सा तो खऱ्यांनीच जैतिवंत जालो.

कोंस्तातीनाची आवय संत हेलेना, जेरसलेमाक पावली तेन्ना ती जेजू ख्रिस्ताच्या मरणाच्या जाग्यार गेली. तिणें थंयच्या एका जाणट्या जुदेवा कडल्यान म्हायती घेवन, जेजूक मरण आयिल्लें ती सुवात उसपूंक लायली. ह्या जाग्यार तिका तीन खुरीस, जेजूच्या खुरसार बरयल्लीं उतरां आनी खिळे मेळ्ळे. तातुंतलो एक जेजूचो जाल्यार दुसरे दोन चोरांक मारपाचे आसले. जेजूचो खुरीस खंयचो हे तिका कळ्ळेंना. तो पारखून काडपा खातीर देवा कडेन तिणें मिलाग्र वा अजाप मागलें. तिणें एके बायलेक (अस्तुरी) जी पिडेस्त आसली तिका खुरसार पातळायली. तेन्ना ती बरी जाली, अशी एक कथा आसा.

ह्या खुरसाचे कुडके करून सगळ्या संवसाराक व्हेल्ले आसात. जेजूच्या माथ्यार बरयल्लीं उतरां जेरूसलेम शारांत पवित्र खुरसाचे इगर्जेत दवरल्यांत. भाग्यवंत हेलनाक कितले खिळे मेळ्ळे ताची सारकी वळख ना. पूण तांचो आंकडो चार आसूंये, अशें म्हणटात. एक खिळो तिणें दर्यांतलें वादळ - मोड बंद जावपा खातीर दर्यांत उडयलो, अशें म्हणटात. दुसरो लॉबार्डीच्या पातशाच्या मुकुटाक लोखणाचो वेंटो करपाक घालो. हेर खिळे खंय आसात, तें सारकें कळून येना. आयच्या काळांत संवसारांत पवित्र खिळे म्हूण वळखतात तांचो आंकडो 30 वयर पावतात.

आतांचे खुरीस : धर्माची खूण जाल्ल्यान खुरसाक

न आनी गौरव मेळपाक लागलो. इगर्जेत पातशाच्या कुटार, सरादाराचे भिलायेर खुरीस घालूंक लागले. ची आकृती बदल्ली. आयच्या काळांत जायत्या तरांचे ुरीस दिश्टी पडटात. खुरसाचे दोन प्रकार आसात. गर्जेचे खुरीस आनी भिस्माचो खुरीस.

**इगर्जेचे खुरीस** : गांवांगांवांनी जायत्यां तरांचे खुरीस श्टी पडटात. घरां मुखारूय बांदिल्ले खुरीस आसात. ाड्या-वाड्यांनी खास करून मेकळया सुवातांनी खुरीस बारिल्ले दिसतात. खुरसाची सांवळी आशिल्ल्या ाग्यार देवांचो आदार मेळटा, ह्या भावार्थान लोक ते ांदतात. गोंयांत इगर्जेमुखार एक पेड दवरून कलात्मक ुरीस बांदतात. मडगांवचे इगर्जेमुखार आशिल्ल्या डाचेर जो खुरीस आसा तो सोबीत आसून ताका तिहासीक म्हत्व आसा. इगर्जेच्या दर्शनी वण्टीच्या ाथ्यार एक बरो खुरीस घालतात. आतां तो विजेच्या देव्यांनी वा हेर सोबायेन सजयतात.

इगर्जेभितर चड करून आल्ताराचेर, जेजूचो पुतळो आशिल्लो खुरीस दवरतात. हे खुरीस जायते भशेन टयिल्ले आसतात. निमण्या शुक्रारा दीस (गुड फ्रायडे) जेजूची मूर्त एका व्हडल्या लाकडाच्या (क्रूस इमिसास) ुरमाक हुमकळायतात. ही प्रथा चड करून गोंयकार आनी लॅटीन अमेरिकेच्या किरिस्तांवांमदीं आसा.

कसलेंय पुरसांव / मिरवणूक आसल्यार, फुडें एक खुरीस घेवन एक फुडारी वता.

**भिस्माचो खुरीस** : भिस्मसायब आनी थोड्या धार्मीक संस्थांचे वांगडी आपल्या गळ्यांत एक खुरीस घालतात. धार्मीक संस्थेचे वांगडी लाकडाचो सुपुल्लो खुरीस गळ्यांत घालतात. पूण भिस्मसायब रूप्याचो वा भांगराचो वा लोखणाचो (स्टील) खुरीस गळ्यांतले सरपळेक घालता. असलो खुरीस घाल्ल्यान लोकंक भिस्मसायब बळखुपाक येता.

**कोंकणी म्हण : मोडक्या खुरसाक कोण चेपें काडिना** : खुरसाक मान दिवच्याक, ताचे मुखार पावतकीर, माथ्या वयलें चेपें काडचें अशी रीत आसा. मोडक्या खुरसामुखार ही रीत कोण पाळिना. तेचप्रमाण घटमूट वा गिरेस्त वा सत्ताधारी मनशाक मान दिवपी लोक, तो मनीस दुबळो, गरीब वा सत्ताभायरो जातकीर ताका मान दिना तेन्ना ही म्हण वापरता.

-सं.

**खेत्रपाल** : खेत्रपाल म्हणल्यार जाग्याची राखण करपी. राखणदार. ताका 'क्षेत्रपाल' वा क्षेत्रपाळ' अशेंय म्हणटात. क्षेत्र म्हणल्यार जागो आनी पाल म्हणल्यार पालन करपी, राखण करपी. ताची गणना शिवकुटुंबाची, जी भैरवाच्या तोलामोलाची आनीक गणदैवत सांगल्या, तातूंत जाता. ऋगवेदांत ताका 'क्षेत्रस्य पति' अशें म्हणलां. वेदकाळांत आर्यलोक पयलीं जनावरां पोसताले. उपरांत ते शेत रोवंक लागलें. जेन्ना शेताची राखण करपाची गरज पडली, तेन्ना खेत्रपाल दैवताची उत्पत्ती जाली अशें मानतात. आर्य लोकां पयलीं पुर्विल्ल्या काळांत ऋषीमुनी खेत्रपालाक, 'तूं आमच्या जनावरांची राखण कर, तूं आमचें हीत करपी जावन राव' अशी प्रार्थना करताले. हाचे वयल्यान पुराणकाळांतूय खेत्रपाल दैवत आशिल्लें वा तेन्ना ह्या दैवताक मानताले हाचो पुरावो मेळटा.

कांय कडेन शेतकार शेत नागरचे पयलीं वा शेत रोवपाच्या वेळार त्या जाग्याच्या खेत्रपालाक कोंब्याचो बळी दिवन भोवमान करताले. खेत्रपालाक कांय लोक देंवचार वा म्हारू म्हणटात. कोंकणांतले शेतकामती ताका खेत्री म्हणटात. थारावीक जाग्यार सुर-रोंट (सोरो आनी तांदळाच्या वा गंवाच्या पिठाची भाकर) दवरपाची चाल खूब कडेन दिसता. खेत्रपाल कृषीदैवत म्हणुनय मानतात. ग्रामदेव क्षेत्र म्हणल्यार गांवच्या शेतांची राखण करपी क्षेत्रपाल.

खेत्रपालाचें वेगळें अशें देवूळ खंयच आशिल्लें दिश्टी पडना. ज्या ज्या देवस्थानांत खेत्रपाल म्हूण देवाची पुजा

करतात, थंय खेत्रपालाच्या नांवान एक पाशाणी चवकोनी फातर, पाशाणी लिंग अशें पुजिल्लें दिश्टी पडटा. खेत्रपालाच्यो मूर्ती चड करून खंयच दिश्टी पडनात. पूण कांय दुर्मिळ सुवातांनी वस्त्र नाशिल्ले अवस्थेंत खेत्रपालाच्यो पाशाणी मूर्ती आसात. पुर्विल्ल्या काळांत ह्या मुर्तीच्या म्हऱ्यांत कांयच नासतालें. पूण उपरांतच्या काळांत म्हऱ्यांत सुणो आशिल्ल्यो मूर्ती दिसूंक लागल्यो. तशेंच ताच्या कमरा भोंवतणी एक नागसर्प, उजव्या हातांत मुदगर (मोगरेचो कळो), दाव्या हातांत मनशाची तकली अश्या नमुन्यांच्यो मूर्ती दिसूंक लागल्यो.

आगम आनी तंत्रग्रंथांत ह्या खेत्रपालाचो उल्लेख आसा. प्रयोगसार नांवाच्या ग्रंथांत खेत्रपालाची पुजा पयलीं करची आनी उपरांत शिवशंकराची पूजा करची, अशें सांगलां. तशेंच खेत्रपालाची पूजा सुरवेक केली नाजाल्यार शिवपूजा केल्ल्यान जें फळ मेळटा तें खेत्रपाल ना करून उडयता, अशें सांगलां. दक्षिण भारतांत सगळे कडेन हो नेम पाळटात. जैन धर्माचे लोक तर खेत्रपालाक वेगळें स्वतंत्र दैवत मानतात. तांच्या मतान आनंदादी भैरव आनी चौसस्ट (64) योगिनी क्षेत्रपालाचे हुकुमतींत आसात.

खेत्रपालाक जाग्याचो राखणदार म्हूण वर्साक एक खेप राखणे खातीर वेगळी मानतूक करपाक एक बोकडो वा कोंबो दिवपाची चाल आसा. ज्या देवस्थानांत खेत्रपाल नांवाचें दैवत आसता, ताची पूजा हेर देवां वांगडा गंध, फूल, अक्षता घालून करतात. निवेद्य म्हूण भाकरी, वडे, नाल्लाची कातली, केळें, अन्न अशी आंगवण केली जाल्यार दाखयतात.

डॉ. ढेरे हाच्या मतान ज्योतिबा, रवळनाथ, नाग हीं दैवतां लेगीत खेत्रपालच. ताचें म्हणणें खेत्र हाचो अर्थ फकत शेतूच न्हय, बायल मनशेचें जननेंद्रिय हेवूय एक खेत्रच (क्षेत्र). ताची राखण करता, पोशण करता तो, ताचे पसून संतानवृद्धी म्हणल्यार मनीस उत्पन्न करता, तो खेत्रपाल. ते नदरेन रोयण हें एक खेत्रच. तें जमनिच्या सर्जनेंद्रियाचें प्रतीक आनी तातुंतलो नाग तो खेत्रपाल.

गोंयांत खेत्रपाल नांवाच्या देवाचें देवूळ सध्याच्या काळांत आसा, अशें आयकूंक येना. जायत्या देवांच्या देवस्थानांनी पाषाणी फातर नाजाल्यार लींग रुपान तो दिश्टी पडटा. गोंयांत खेत्रपालाची जायतीं देवळां इ. स. 16व्या शेंकड्या मेरेन (सुमार 1567 वर्सा मेरेन) आशिल्लीं जावंक जाय, हाचे पुरावे मेळटात. 1540 ते 1567 मेरेन गोंयांत बाटाबाटिच्या वेळार देवळां, तातुंतल्यो मूर्ती मोडप असलीं कामां त्यावेळच्या राज्यकर्त्यांनी केलीं. गोंयच्या सरकारी पुराणवस्तू पुरातत्व खात्यांत आशिल्ल्या कागदपत्रांत तांणी जीं देवळां मोडून उडयलीं तांची वळेरी आसा. ह्या खात्याचो संचालक स. डॉ. पांडुरंग शणै पिसुर्लेकार हाणें ही वळेरी उजवाडायिल्ली आसा. हे वळेरेंत बारिकसाणीन पळयल्यार खेत्रपाळाचें देवूळ खंयच्या गांवांनी आशिल्लें, तें समजता. तिसावडींतल्या आगशी, दुर्गावाडी, गोवाळी, मौळें, जुवें, मेडकुडी, धाकटी-मोरंबी, मुंर्डा ह्या गांवांत अनी साश्टीच्या आडसुली, काना, कुडतरी, दाभोळी, गिरदळी, म्हाखाजन, बारदेसच्या आसगांव, अन्सोडें, काणके, नांदोडे, नेरूल, शिरोडें ह्या गांवांनी खेत्रपालाचीं वट्ट वीस देवळां त्या काळांत आशिल्लीं म्हणपाचो उल्लेख मेळटा.

**- सं.**

**खेत्री :** कोंकणांतले शेतकार क्षेत्रपालाक 'खेत्री' ह्या नांवान वळखता. गोंयांत खेत्री हाचो अर्थ वेगळे तरेन समजतात. ज्या देवस्थानांत खेत्र करतात, म्हणल्यार ज्या देवा मुखार बोकडो, कोंबो, रेडो अशा जनावरांचे बळी दिवपाची चाल आसा, त्या देवस्थानाक वा त्या देवाक खेत्री देव म्हूण वळखतात. ह्या देवामुखार ताच्या जात्रे दिसा वा आयतार, बुधवार, उमास ह्या दिसा जनावरांचो बळी दितात.

बेताळ, वेताळ, रवळनाथ, म्हारू, म्हारींगण, देंवचार ह्या नांवाचीं दैवतां खेत्री दैवतां म्हूण मानतात. खेत्रपाल हें खेत्री दैवताक लागिचें अशें दैवत आसा. कारण

त्रपालाक वर्सांतल्यान एक फावट भोगावळ म्हूण एक ाकडो बळी दिवपाची चाल आसा. खेत्रीचे उपासक, सऱ्या दिसा तरसादीन आपल्या कपलार घाय घालता ाका खेत्र करप म्हणटा.

- **सं.**

**खेर, बाळ गंगाधर :** (जल्म : 24 ऑगस्ट 1888 रत्नागिरी, मरण : 8 मार्च 1957, पुणे).

कोंकणांतलो मुंबय शाराचो पयलो मुखेलमंत्री आनी समाजसुधारक. 1906 वर्सा तो बी. ए. जालो. उपरांत 1908 वर्सा ताणें एल.एम.बी. ची. डिग्री घेतली. 1912 - 18 ह्या वर्सांनी ताणें वकिली केली आनी 1918 वर्सा तो मेसर्स मणिलाल, खेर अंबालाल कंपनीचो एक भागीदार जालो. ह्या वेवसायांत ताणें खूब यश प्राप्त केलें.

ताका मुरवाती पसून समाजकार्यांत आनी राजकारणांत रस आशिल्लो. ताका लागून हरीजन सेवा संघ, खादिचो प्रसार, ग्रामोद्योग हातूंत तो सक्रीय भाग घेतालो. 1922 वर्सा सावन तो गांधीजीच्या स्वातंत्र्य चळवळींत भितर सरलो. मुंबयच्या स्वराज्य पक्षाच्या शाखेचो तो सचीव आशिल्लो. 1930 वर्सा असहकार आंदोलनांत भाग घेतिल्ल्या कारणान ताका बंदखणींत घातिल्लो. 1930 वर्सा तो मुंबय उपनगर जिल्लो कॉंग्रेस समितीचो अध्यक्ष जालो. विलेपार्लेमीठ सत्याग्रहा खातीर ताका ख्यास्त जाल्ली.

कॉंग्रेसींत बहिश्कार घातिल्ल्यान पयलेच फावट कायदो मंडळाच्या वेंचणुके उपरांत 21 जुलय 1937 दिसा तो मुंबय शाराचो मुखेलमंत्री जालो. दुसरें म्हाझुज सुरू जाल्या उपरांत ताणें आपल्या मुखेलमंत्री पदाचो राजिनामो दिलो. ''चले जाव'' ह्या चळवळींत भाग घेतिल्ल्या कारणान ताका दोन वर्सांची ख्यास्त जाल्ली.

दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत परत जाल्ले वेंचणुकेंत जिखून येवन मुंबयचो मुखेलमंत्री जालो. घटना समितीचेर ताणें काम केलें. आयर्लंड आनी ब्रिटन हांगा तो भारताचो हायकमिशनर आनी परराष्ट्री वकील म्हूण गेल्लो. परत भारतांत आयल्या उपरांत 1954त ताच्या अध्यक्षतेखाला शासकीय भाशा आयोगाची थापणूक केली. गाधी निधिचोय तो अध्यक्ष आशिल्लो पूण ह्या निधिचो अहवाल उजवाडा येवचे पयलींच तो मरण पावलो.

मुखेलमंत्री आशिल्लो तेन्ना ताणें शिक्षण खात्याचो कारभार स्वताच पळयलो. सगळें शिक्षण आवयभाशेंत दिवचें अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. देखून ताणें महाराष्ट्रांत मराठींत शिक्षण दिवपाक सुरवात केली आनी फुडें ताका प्रोत्साहनय दिलें.

''लोकमान्य'' आनी ''गांधीमार्ग'' ह्या नियतकालिकांचो संपादक म्हण ताणें काम केलें. तेभायर ह्या वर्तमानपत्रांनी लेख बरोवन आपले राजकीय विचार लोकांसामकार मांडले.

बाबासाहेब आंबेडकर हाच्या बरोबर ताणें अस्पृश्यताय निवारण करपाच्या कामांत हातभार लायलो. आंबेडकरा वांगडा नाशिकांतल्या काळाराम देवूळ सत्याग्रहांत वाटो घेतलो. तशेंच खेर महाराष्ट्र हरिजन सेवक संघाचो अध्यक्ष आशिल्लो. समाजसेवा संघाच्या कार्यकारी मंडळाचो सभासद, मुंबय लिगल एड सोसायटीचो संस्थापक - सदस्य, श्रद्धानंत अनाथ महिला आश्रमाचो उपाध्यक्ष आनी ''बाँबे लॉ जर्नल'' हाचो सहसंपादकय आशिल्लो.

भारताची संस्कृती आनी संस्कृत भाशेंत ताका खूप रस आशिल्लो. इंग्रजी, मराठी, गुजराती ह्या भाशांनी ताका उलोवपाक जमतालें. मरणा पयलींच ताणें आपली रोख शिल्लक पुण्यांतल्या कोयाजी रूग्णालयाक दिल्ली.

1954त भारत सरकारान 'पद्मभूषण' हो किताब दिवन ताचो भौमान केलो.

- **सं. मं**

**खेळ : पळयात →** **इत्रूज, तियात्र**

**खेळे : पळयात → शिगमो**

**खैर :** (मराठी : खैर, हिंदी : कथ्था, कन्नड : काचू, संस्कृत : खदिर, इंग्लीश : कॅटेच्यू ट्री), लॅटीन : ॲकेशिया कॅटेच्यू)

एक वखदी वनस्पत. सुमार 9-12 मी. उंचायेचें हें झाड. ह्या झाडाच्या आंगार बारीक कांटे आसतात. हाच्यो खांदयो नाजूक आनी साल वातड आसता. तशीच ती खडबडीतूय आसता. ह्या झाडाचेर आंगार आसपी कांटे मोटवे आसता पूण ते तोंका कडेन वाकडे आसतात. हें झाड बाभूळ आनी लजकी तशेंच गुलमोहर हे कुळातलें आशिल्ल्यान बाभूळ, लजकी आनी गुलमोहर ह्या झाडा भशेन हाकाय बारीक पानां आसता. हीं पानां दोनय वटेच्यान एकामेका सामकार आसता. दिसपाक मोरापिसां सारकीं 10-15 सें.मी. लांबायेचीं आसतात. हे झाडाक दिसपाक मंजिरीभशेन बारीक आनी हळडुव्या रंगाची फुलां फुलतात. हीं फुलां ऑगस्ट ते सप्टेंबर म्हयन्यांत फुलतात. ह्या झाडाक चेपट्यो, बारीक सांगो लागतात. तोंका कडेन त्यो चोंची सारक्यो आसता. तातूंत 3-10 अशो बियो आसतात. तांबडो खैर आनी सोन खैर हे खैराचे मुखेल दोन प्रकार. धवो खैर (श्वेत), विट्टखैर (विंटखदिर) आनी काबो खैर हे खैराचे हेर प्रकार आसात.

खैराच्या लाकडाचो घरगुती तशेंच हेर कामांत उपेग जाता. तेभायर हें एक वखदी झाड आशिल्ल्यान झाडाच्या सालीपसून बरोचसो वखदी उपेग जाता. खैराचें लाकूड घट्ट आनी चड काळ तिगूर उरपी आशिल्ल्यान घराक लागपी खांबे म्हूण वापरतात. शेतकामाक लागपी आयुदां, मुसळ, घाण्याक लागपी लाटण्यो, व्हडीं, तशेंच कोयती, सुरी तलवारी हांका लागपी मुठी तयार करपाक खैराच्या लाकडाचो वापर करतात. हाची लाकडां जळव म्हूण वापरतात. तांबड्या खैराची साल आनी खदिरसार हांचो वखदांत उपेग करतात. ताळ्यांत, हड्ड्यांत खवखवता आसत, ताळो बसल्यार, ताळो दुखत जाल्यार खैरापसून तयार केल्लीं पिल्लां (गुळयो) 'खदिरादिवटी' घेतात. गळ्यांत सूज येवप, बिणां वाडप अशा दुयेंसांतय हीं पिल्लां वापरूं येतात. तोंडाच्या दुयेसांनी, तोंडांत घावो जाल्यार खैराचो काडो आनी म्होंव तोंडांत धरचें. तोंडास वास मारपाचो बंद जाता. दंत जायत, पातळ परसा कडेन जावन संडासांतल्यान रगत पडत जाल्यार खैराचो काडो करून पोटांत घेवचो. खैर हो मेद धातूचेरूय कार्य करता. हाका लागून कफदोश वा पित्तदोश इबाडून जावपी गोडेमुताच्या दुयेंसा वेळार खैराचें चूर्ण पोटांत घेतल्यार फायदो जाता. आंगाक सूज आयल्यारय हें चूर्ण उपेगी पडटा. एकाद्या मनशाची मोटाय देवोवपाची आसत तर खैराचें चूर्ण प्रमाणांत घेतल्यार वजन कमी जावपाक मजत जाता. आंगार धवें वचत जाल्यार खैराचो काडो करून पोटांत घेवचो. मार लागून घावो जायत आनी रगत व्हांवता आसत जाल्यार खैराचें चूर्ण घाव्यार घालचें. खैराजें चूर्ण दातांच्या मावार हळूहळू घांसल्यार दांत बळकट जातात अनी पूं वा रगत येवपाचें बंद जाता. हे वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो अवश्य घेवचो.

- सं. मं

**खो खो :** एक मैदानी खेळ : हो खेळ सरळ वा वाटकुळे पद्दतीन खेळटात. तशेंच ताचे बैठो-खो खो आनी उबो-खो खो अशे दोन प्रकार



ासात. चडशे करून बैठो - खो खो च खेळटात.

ह्या खेळाक एक खाशेलें सपाट मैदान लागता. तें 11 फूट लांब आनी 51 फूट रूंद आसता. ताच्या ांबायेच्या दोनय तोंका कडेन 4 फूट उंचायेचे, ळगुळीत अशें लाकडी खूट जमनींत पुरतात. खुटांच्या ारय वटांनी मेकळी सुवात आसता. ताका चौक ्हणटात. दोनय खुटांच्या मदीं उरपी चौकातलें 1x1 फूट नशीर सुवातीक चौरस म्हणटात. खेळगडी एकमेकांचे ाड दिकेक तोंड करून ह्या चौरसांत बसतात. उब्या-्रो खोंत गडे उबे रावता.

ह्या खेळांत णव-णव खेळगडे दोन पंगडांनी खेळटात. ्क पंगड बसपी आनी दुसरो पंगड धांवपी आसता. बसपी ंगडांतले आठ गडे आरते परते बसतात आनी णवो गडो ुसऱ्या पंगडाच्या गड्याचो फाटलाव करपाक उबो ावता. जे दिकेक तोंड करून उबो आसा तेच दिकेतल्यान ो गडी धावूंक शकता.

कुरू - बावलो उडोवन खंयच्या पंगडान बसपाचें आनी खंयच्या पंगडान धांवपाचें थारायले उपरांत बसपी ंगडाचे आठ गडे बसतात आनी धांवपी पंगडाचे तीन गडे ैदानार येतात. बसपी पंगडाचो उबो राविल्लो गडो ह्या ीन गड्यांक आफुडपा खातीर तांच्या फाटल्यान धांवता. ाणे एकेच दिकेन खुंटा मेरेन धांवचें आसता. खुटा कडेन ावतकच ताका दिका बदलपाक मेळटा. ताचे पयलीं ना. धांवपी पंगडाच्या गड्यांक अशें बंधन नासता. ते आपणाक जाय तशे धांवपाक शकता. बशिल्ल्या गड्यां मदल्यान लेगीत ते एके वटेच्यान दुसरे वटेन वचूंक शकता.

फाटलाव करपी गडी धांवपी गड्याक आफडू येता वा आपल्या पंगडांतल्या बशिल्ल्या गड्याक 'खो' दिवन म्हणजे ताचे फाटीर हात मारून ताका धांवपाक सांगूं येता आनी आपणेन ताचे सुवातेर बसूं येता. बसपी गडे आरते परते बसता जाल्ल्यान विरोधी पंगडाचे गडे ज्या बसपी गड्यामुखार पावल्या त्या गड्यांक 'खो' दिल्यार ताका आपणा मुखा वयल्या गड्याक आफडूंक सोपें जाता. कारण 'खो' दिवपी गडो जंय धांवपी गडे आसा थंय मदसून दुसरे वटेन वचूंक शकना. जाका 'खो' दिला त्या गड्याचे तोंड हे दुसरे वटेन आशिल्ल्यान ताका तेवटेनच्या धांवपी गडीक आफुडपाक सोपें जाता. धांवपी पंगडाचे पयले तीन गडी बाद जातकच नवे तीन गडी मैदानार येतात.

दर एका पंगडाक 30-30 मिनटांचो वेळ मेळटा. पयल्या बसपी पंगडाचीं 30 मिनटां सोंपलें उपरांत धांवपी पंगड बसता आनी बसपी पंगड धांवता. ह्या 30 मिनटां मदीं जो पंगड चड गडी बाद करता तो पंगड खेळ जिखता.

ह्या खेळां वरवीं धांवपाचो सराव वाडटा, आंगांत चपळाय येता आनी खेळगड्यांचे कुडीक बरो व्यायाम घडटा.

कोंकणांत हो खे खूब आदीं सावन खेळटात. हांगा हो खेळ खेळपी जायते खेळ-पंगड आसात. हे पंगड राज्य तशेंच राष्ट्रीय पांवड्या वयल्यो खो - खो सर्ती आयोजीत करतात.

-एन. सुहास.

**खोटे दुर्गा :** (जल्म : 14 जानेवारी 1905, मरण : 1991).

मराठी-हिंदी चित्रपट नायिका. तिचो जल्म मुंबयंतल्या उच्च शिक्षीत प्रतिश्टीत लाड घराण्यांत जालो. विश्वनाथ खोटे हाचे कडेन लग्न जाल्या उपरांत ती दुर्गा खोटे जाली. कॅथीड्रल स्कूल मुंबय हांगा तिचें शिक्षण जालें. प्रतिश्टीत कुटुंबांतल्यान चित्रपटसृश्टींत प्रवेश करून अखील भारतीय पांवड्यार लोकप्रियता जोडपी ती पयली बायल मनीस.

भवनानीच्या 'फरेबी जाल' हातूंत 1931 त तिणें पयली भूमिका केली. 1932 वर्सा तयार जाल्ल्या पयल्या मराठी बोलपटांतल्या 'अयोध्येचा राजा' हातूंतल्या तिच्या तारामतीच्या भूमिकेन तिका व्हड लोकप्रियता मेळोवन दिली. प्रभात आनी न्यू थिएटर्सच्या चित्रपटांतल्यान एकाच वेळा ती नायिकेच्यो भूमिका

करताली. 'अयोध्येचा राजा' हातूंतली तारामती, 'माया मच्छिद्र' हातूंतली पुरूशद्वेश्टी राणी, 'अमर ज्योती' हातूंतली समुद्री डाकू, 'पायाची दासी' हातूंतली करूणामूर्ती, अत्याच्यारित स्त्री अशा वेगवेगळ्या ढंगांच्यो भूमिका तिणें केल्यो.

तिच्या कारकिर्दिच्या उत्तरार्धांत चरित्र नायिका म्हण म्हत्वाच्यो भुमिकाय तिणें गाजयल्यो. 'मुगले - आझम' हातूंतली जोधाबाई, 'बॉबी' हातूंतली मिसेस बँग्राझा ह्यो कांय बऱ्यो देखी आसात.



तिची चित्रसंपदा अशी : 'फरेबी जाल' (1931), 'अयोध्या का राजा', 'पतित पावन', 'राजरानी मीरा' (1933), 'सीता'(1934), 'जीवन नाटक', 'इन्किलाब' (1935), 'प्रतिभा', 'कल की बात' (1937), 'नंदकुमार', 'सौंगडी', साथी (1938), 'अधुरी कहानी' (1939), 'नरसी भगत', 'गीता', 'रायगड' (1940), 'चरणों की दासी' (1941), भरत मिलाप', 'भरत भेट', 'विजय' (1942), 'कुर्बानी', 'महासती', 'अनसूया', 'पृथ्वी वल्लभ', 'तस्वीर', 'जमीन', 'महात्मा विदुर' (1943), 'दिल की बात', 'महारथी कर्ण', 'फूल' (1944), 'लाखारानी', 'पन्नादाई', 'वीर कुणाल', 'व्हिजेल गर्ल' (1945), 'रूक्मिणी स्वयंवर', 'दासी या मां', 'हम एक है', 'महारानी मीनल देवी' (1946), 'अजुमन', 'मोरूची मावशी', 'सीता स्वयंवर' (1948), 'माया बाजार', 'जीत, सिंगार' (1949), 'अलख, निरंजन', 'हमारा घर', 'मगरूर', 'मी दारू सोडली', 'श्रीकृष्ण दर्शन', 'सूरजमुखी', 'हर हर महादेव', 'हिंदुस्तान हमारा', 'निशाना', 'वीर भीमसेन', 'बकासूर', 'कल्याण खजिना' (1950), 'जशास तसे', 'आराम', 'हमारी शान', 'हमलोग', 'मालती माधव', 'मुरलीवाला', 'नई जिंदगी', नंदकिशोर', 'सागर', 'सजा' (1951), 'आंधियां', 'हैदराबाद की नाजनीन', ''लाल कुंवर', 'इंद्रासन', 'मोरध्वज', 'संदेश', 'नरवीर तानाजी' (1920), 'आनंद भवन', 'चाचा चौधरी', 'धर्मपत्नी', 'माशूका', 'नौलखा हार', 'शिकार', 'नागपंचमी', 'श्री चैतन्य महाप्रभु', 'मालकीन' (1953), 'लैला', 'रामायण', 'लकीरे', 'मिर्जा गालिब', 'खेळ चालला नशिबाचा', 'झंझावात' (1954), 'हसीना', 'आदले - जहांगीर', 'मद भरे वैन', 'श्री गणेण विवाह', 'जगद्गुरू शंकराचार्य (1955), 'द्वारकाधीश', 'इन्साफ', 'परिवार', 'पटरानी', 'हरिहर भक्ति', 'बडे सरकार', 'भाभी', 'मुसाफिर', 'राज तिलक' (1958), 'अर्धांगिनी', 'मैने जीना सीख लिया', 'घर घर की बात' (1959), 'लव्ह इन सिमला', 'परख', 'उसने कहा था', 'उमज पडेल तर' (1960), 'भाभी की चूडियां', 'दो भाई', 'एक लडकी सात लडके', 'सेनापति', 'किस्मत पलट के देख' (1961), 'मैं शादी करने चला', 'मनमौजी', 'रंगोली' (1962), 'मुझे जीने दो', 'हाऊस होल्डर' (1963), 'बेनजीर', 'दूर की आवाज', 'कैसे कहूं', 'तेरे द्वार खडा भगवान', 'मास्टरजी', (दिग्दर्शनूय केले) (1964), 'दोन दिल', 'रायगडचा राजबंदी', 'काजल', 'पूर्णिमा', 'जनम जनम के साथी' (1965), 'अनुपमा', 'दादी माँ', 'दोपर', 'प्यार मोहब्बत', 'सगाई' (1966), 'चंदन का पालना' (1967), झुक गया आसमान', 'संघर्ष', 'सपनों का

ादागर' (1968), 'धरती कहे पुकार के', 'जीने की ह', 'मेरा दोस्त', 'प्यार का सपना', 'एक फुल दो ाली' (1969), 'धरतीची लेकरें', 'गोपी', 'देव ाणूस', 'खिलौना', 'उमंग' (1970), 'बनफूल', ारती की गोद में', 'एक नारी एक ब्रह्मचारी' (1971), ावर्ची', 'मंगेतर', 'मेरे भैया', 'शरारत', 'राजा जानी' 1972), 'अभिमान', 'अग्निरेखा', 'दूर नहीं मंजिल', नमकहराम', 'सोने के हाथ', 'पांच दुश्मन' (1973) इन्सानियम', 'बिदाई', 'दिल दिवाना' (1974), 'बीवी ्कराये की', 'चैताली', 'दो ठग', 'काला सोना', खुशबू', 'वंदना' (1975), 'बजरंग बली', 'जाने मन', ंगीला रतन', 'शक' (1976), 'चाचा भतीजा', 'चोर सिपाही', 'डार्लिंग डार्लिंग', 'दो चेहरे', 'नामी चोर', पहेली', 'पापी', 'साहेब बहादूर' (1979), 'कर्ज' 1980).

मराठी रंगमाचयेर तिणे अभिनय आनी दिग्दर्शन अशा ोनय मळांचेर काम केलें. साहित्य संघाच्या भाऊबंदकी' नाटकांतली आनंदीबाई पेशव्याच्या भूमिकेंत ती कायम यादस्तीक जावन उरली. इप्टाच्या आंदोलन' नाटकांत तिणें काम केलें. 'दुर्गा खोटे प्रॉडक्शन्स हाची थापणूक करून जाहिरातपट आनी लघुपटांची ती निर्माती जाली. ''मी दुर्गा खोटे'' हें तिचें आत्मचरित्र 1982त उजवाडाक आयलें.

- सं. मं.

**खोजनो :** एंक तरेचें दारूकाम. जमनींत लाकडी, हाडाच्या वा धातुच्या रित्या आयदनांत दारू (स्फोटक) चिड्डून भरून ताका उजो पेटयल्या उपरांत दारूच्या दाबाक लागून मोटो आवाज करून पेटिल्लो दारूचो गुळो हवेंत उडटा. हाका खोजनो पेटयलो अशे म्हणटात. अशे खोजने हे चडशे इगर्जेच्या फेस्ता आदीं आनी फेस्ता दिसा पेटयतात. हांचो आवाज आयकून लोकांक फेस्ताची खबर जावची असोय तांचे फाटलो उद्देश आसता.

**कोंकणी म्हणी : 1) फेस्ता फुडें फाम :** खोजने लावन फेस्ता फुडें फाम (खबर) करता हाचे वयल्यान आदीं कळोवणी करता ते क्रियेक उद्देशून कोंकणींत 'फेस्ता फुडें फाम' अशी म्हण्णी आसा.

**2) फुलू खुस्तार खोजने :** इगर्जेचें फेस्त हें चडशें गांवचे गांवकार, आळीपाळीन आपल्या खर्चान करता. तातूंत खोजन्यांच्या खर्चाचोय आसपाव आसता. जेन्ना अशे खोजने कोणय पेटयता तेन्ना पळयतल्यांक पेटोवपी दिसता. तांचो खर्च करपी दिसना. म्हणून जेन्ना एकलो दुसऱ्याचें स्रय घेता तेन्ना कोंकणींत 'फुलू खुस्तार खोजने' अशी म्हण्णी वापरतात. हांगा फुलू हें खोजन्यांचो खर्च करपी बायलेचें नांव आसता.

- सं.

**खोबरें :** नाल्लाचे सुकयल्ले कातलेक (गराक) खोबरें म्हणटात. उदकाचे नाल्ल वा उदक आटून आटकां जाल्ले नाल्ल फोडून तांचीं वळीं (अर्दां) कट्टे सयत वतात सुकयतात. चड तेंपाच्या आटकांची कातली कट्टे पासून आपशीच सुटून गुडगुडीं जाता. ह्या गुडगुड्यांचीं अर्दांय अशींच वतांत सुकयतात. सुकयल्ल्या खोबऱ्याच्यो ल्हान ल्हान शिरो (कुडके) करून त्यो घाण्यार आनी आतां गिरणीर पिळून तातूंतल्यान तेल काडटात. तेलाच्या घाण्याक बांदिल्लो बैल घाणो घुंवडायताना घाण्यांत घाल्ले खोबऱ्याचे कुडके चिड्डून तातूंतल्यान तेल भायर सरता. तेच पद्दतीन गिरणींतय तशेंच तेळ पिळून काडटात. तेल पिळून उरिल्ल्या खोबऱ्याच्या सोपोडाक पेंड म्हणटात. ही पेंड गोरवाची खावड म्हणून वापरतात.

कोंकण वाठारांतले लोक दिसपट्ट्या जेवणांत (नुस्तें तळप, पुरयो काडप, भाजयेक फोण्ण दिवप) खोबरेलाचो वापर करतात. न्हावचे पयलीं आंगाक लावपाक तशेंच देवाचे दिवे पेटोवपाकय खोबरेल तेलाचो वापर जाता. बाळंटीक आनी ल्हान भुरग्याच्या आंगाक बाळंटेरा उपरांत दोन तीन म्हयने न्हावचें पयलीं खोबरेल रगडपाची चाल आजूनय चालू आशिल्ली दिसता. अशा तेल

रगडपांत बाळंटिणीची तशी भुरग्याची आंगाची भलायकी घटमूट जाता असो विस्वास अनी अणभव आसा. तेभायर रंगनिर्मिती, वखदां, खाणां सारकिल्ल्या उद्देगीक वेपार निर्मितीतय खोबरेलाचो वापर जाता.

**कोंकणी म्हण : खोबऱ्या बैल चलता बरो :**

तेला घाण्याक बांदिल्ल्या बैलाक घाण्यांतल्यान भायर सरपी पेंड (बैलाची खावड) दिसता आनी तिचे आशेन तो बरो (उमेदीन) घाणो ओडटा असो हे म्हणी फाटलो भावार्थ आसा.

जेन्ना खंयचोय मनीस आपणाक मेळपी फळाची आस्त धरून उमेदीन वावुरता ताका ही ओंपार मारता.

**- सं.**

**पुरक नोंद : खोबरेल, नाल्ल, माड.**

**खोबरेल :** सुकयल्ल्या कातलेपसून तयार केल्ल्या तेलाक 'खोबरेल' वा 'खोबरेल तेल' म्हणटात. ताका 'नाल्लेल' अशेंय म्हणटात.

पाडून हाडिल्ल्या नाल्लांक चड तेंप जातकच ते सुकतात. अशा वेळार नाल्ल फोडून, भितरले खोबरें खळ्यांनी सुकत घालतात. अशें 4-5 दीस खोबरें सुकयतात. खोबरें सुकल्या उपरांत कुटकुटीत जातकच तांचें बारीक कुडके करून तें गिरणीर व्हरून तांचें तेल काडटात. आदल्या काळार जेन्ना गिरणीचो सोद लागूंक नाशिल्लो तेन्ना सुकयल्लें खोबरें बैला घाण्यांत घालून पिळून काटटाले आनी तातुंतल्यान तेल गळटालें. खोबरें पिळून तेल वेगळें करतकच जो सोपोड उरता ताका 'पेंड' म्हणटात. ही पेंड खावपाक गोड लागता. ती गोरवांक खावड म्हणून घालतात. चड करून दूद दिवपी गोरवांक ती खावयतात. ताका लागून गोरवांक दूद तयार जाता अशें म्हणटात.

सुकयल्ल्या नाल्लांचें जशें तेल काडटात तशेंच जित्या नाल्ल्यांचेंय तेल काडटात. जित्या नाल्लाची सोय बारीक वांटून तिचो दाट रोस काडटात. ह्या रोसांत इल्लें लेगीत उदक घालप आसना. ह्या रोसाक 'आपरोस' म्हणटात. हो आपरोस रांदनीर दवरून, लोणी कडयिल्लेवरी कडयतात आनी तेल काडटात. असल्या तेलाक 'आवेल' म्हणटात. आदल्या काळार ह्या आवेलांत वडे तळटाले.

खोबरेलाचे स्वताचे अशें कांय खास गुणधर्म आसात. देखून, आदल्या काळासांवन आज मेरेन ताचो उपेग जायत आयला. जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याक खोबरेल रगडोवन न्हाणोवपाची चाल कोंकणांत आसा. तशेंच बाळंटिण बायलेक म्हयनोभर हें तेल रगडटात. तशें केल्लान भुरगें आनी बाळंटिणीची कूड घटमूट जाता असो समज आसा. मनशाचे कातीक तुकतुकसाण ह्या तेलान येता असो अणभव आशिल्ल्यान न्हात्रचे पयलीं लोक आंगाक तेल सारयता. कानाचो पड्डो ओलो उरचो म्हणून कांय लोक कानांत हें तेल घालतात. सुकें म्हणजे खारें नुस्तें खोबरेलांत भाजून खावपाची पद्दत कोंकणांत आसा. ह्या नुस्त्याक खोबरेल रूच हाडटा.

दिवल्यो, पणट्यो, आरती, दिवजां आनी हेर धार्मीक दिवे पेटोवपाक खोबरेलाचो वापर जाता.

**- सं.**

**खोयरी : पळयात → भात**

**खोळ ( कांबळ) :** पावसापासून रक्षण करपी कुळवाड्याचें साधन. गांवगिऱ्या वाठारांत, विशेश करून रानां-शेतां-कुळागारांनी रोवणी, नडणी आनी हेर तत्सम कामां करतांना पावसांत खोळ वापरता. दर्यार नुस्तें मारपी नुस्तेकारय अशी खोळ वापरतात. पावसादिसांनी गावांत भोंवडी करताना वा बाजार करतांनाय गांवचे लोक खोळ वापरता.

खोळ ही मुस्तायके सारकीं आंगार घालून दवरपाची वस्त जाल्ल्यान तिका सत्रे प्रमाण हातांत धरपाची गरज पडना. ती घालून काम करतल्याचे दोनय हात काम

रपाक मेकळे उरतात. ते खातीर पावसांत काम करतल्यांक खोळ खुबूच सोयिची जाता. तेभायर खोळ ही कांबळ ह्या खाशेल्या केंसाळ कुसांच्या वस्त्रा पासून केल्यान ती वापरतल्याक तिचे पासून उब मेळटा. गरज पडटा तेन्ना खोळ जमनीर पसरून तिचेर लवंडून विसव घेवपाचीय सोय जाता.

कांबळ ह्या लांबट चवकोनी अशा कुंसाळ वस्त्राची एके खाशेले तरेन घडी (खोळ) करतात. हे घडयेक दरयेच्या हुकाच्या आदारान माथ्याक तोपरें आनी फाटीर आंगभर खोळ उरपाची वेवस्था करतात. तोपऱ्याच्या आकाराची ही खोळ माथ्यार घालून फाटी वयल्यान पायां मेरेन लांबत उरता.

खोळिचे घडयेच्यो दोनय देगो फुडले वटेन ओडून हातकच पोट धरून मनशाचे कुडिचें फुडलें आंगय खोळीन धांपून पावसापसून रक्षण करूं येता. खोळी खातीर कांबळ वापरचे पयलीं, कांबळ उदकांत भिजोवन दवरतात. उपरांत तिका पायांनी मस्तून तिच्यांतली खळ (घाण) काडून घेतात. तशें केल्या उपरांत कांबळिचें आंग गच्च जावन तिचे वयल्यान पावसाचें उदक सरसरीत निस्तरपाक सोपें जाता. तेभायर तिचो उग्र वासय उणो जाता.

आदल्या काळांतलो कण्णो, सातली आनी उपरांतची सत्री, रेनकोट ह्या वस्तूं वांगडाच गावांनी बरे सोयिची म्हणून, खोळ वापरप चालूच आसा.

हालींसरा नवे पिळगेंतले लोक रेनकोट पसंत करतात वा वजनान ल्हव म्हणून मेण कापडाच्यो (प्लास्टिकाच्यो) खोळी वापरतात.

कोंकणांत, भोंवतेक सगळ्यांत गांवांनी गांवचें राखणे-दैवत म्हणून गांवच्या देवचाराक भजतात. ताका निवेद्य म्हणून रोंट-सोरो दितात तशेंच चलपाक जोतें आनी वस्त्र म्हणून कांबळ दितात. खांदार कांबळिची घडी, माथ्याक मुंडाशें, कंबराक वालो आनी हातांत बडी अशी देवचाराची प्रतिमा लोकांमदीं प्रचलीत आसा.

**- सं.**

**पुरक नोंद : कण्णो, सत्री, सातली.**

**गजगो :** एक वाल वनस्पत. संस्कृत - कुबेराक्क्षी, शास्त्रीय नांव - Caesalpinia bondue. हाच्या फळाचे सुकिल्ले बियेंतल्यान गुजू गुजू आवाज येता. हाचे वयल्यान ताका गजगो नांव पडलां आसूं येता. ही वाल ल्हान आकाराची आसून तिका वाटकुळीं नाण्या आकाराचीं पानां आसतात. तिका शेंगां सारकीं फळां जाता. आनी ह्या शेंगांनी बियो जाता. ह्यां शेंगाक गजगो म्हणटात. ही वाल कोकण वाठारांत रानां-मळानी वाडटा.

रोग निवारण करपी बीं म्हणून गजग्याक आदीं सावन म्हत्व प्राप्त जालां. आदल्या काळांत, भुरग्याच्या भेणांत वा गळ्यांत दोऱ्याक गुंथिल्लो गजगो बांदपाची सर्रास चाल आसली. आयज लेगीत गांवगिऱ्या वाठारांनी भुरग्याचे भलायकेचो रक्षक म्हणून तो भुरग्याच्या आंगार बांदतात.

गजग्याचे बिंयेचो मोवलो तशें वालिचीं मुळां आयुर्वेदीक वखदां करपाक वापरतात. हो मोवलो विखारी आशिल्ल्यान ताचो वखदांत वापर करतांना जाणकाराचो सल्लो घेवप गरजेचें आसा.

गजग्याच्यो बियो बऱ्यो सुळसुळीत आशिल्ल्यान हातांत घोळोवपाक बऱ्यो जाता जाल्ल्यान तांचो आदल्या काळांत खेळां खातीर उपेग जातालो. 'हाता वयलें दान' ह्या खेळां प्रकारांत खेळपी खेळगडे गजग्याच्या बियांचो वापर करताले.

**- सं. मं.**

**गंजन :** (मराठी :गवती चहा, हिंदी :गंधतृण, गुजराती : लिलिचा, कन्नड : मज्जिगे हुळ्ळू, संस्कृत : भूस्तृण, इंग्लीश : वेस्ट इंडियन लेमन ग्रास, लॅटीन : सिंबोपोगॉन सिट्रेटस कूळ : गॅमिनी)

एक वखदी वनस्पत. 1.5 मी. उंचाय आशिल्लें हें

वासाळ तण झोंपांनी वाडटा. हें झोंप जायतीं वर्सां जियेता. ह्या झोंपाचें कांड (मूळक्षोड) मोटवें आसता आनी तें जमनींत वाडटा. ताचो कांय भाग जमनी वयर (संधिक्षोड) येता. पानां सादीं, रेशाकृती, तोंकां कडेन अशीर, सुमार 90. सें.मी. लांब, निळसार पाचवीं आनी खरखरीत आसतात. तृणपुच्छ (पानांच्या देंठा कडेन आशिल्लो पानांचो ल्हान भाग) ल्हान आनी कांडाक गुठलायिल्लो आसता. हाका फुलांय फुलतात. हीं फुलां 30 ते 60 सें.मी. लांबायेचे, महाछद आशिल्ले परिमंजरीचेर येतात.

हे वनस्पतीक दमट वातावरण, ओलसाण आनी भुसभुशीत जमीन लागता. गंजनाचे थाम लावन नवी लागवड करतात.

गोंय, केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या कोंकण वाठारांनी ताची लागवड करतात. ही वनस्पत वखदी आशिल्ल्यान कोंकणांत ती कांय कडेन आंगणांत दिसतात.

**उपेग :** गंजनाच्या पानांचो काडो उत्तेजक, मुत्रल, जोर ना करपी आनी घाम हाडपी आशिल्ल्यान थंडेचेर गुणकारी जावन आसा. गंजनांत 70 टक्के ते 80 टक्के सित्रोल हें द्रव्य आसता. ह्या द्रव्यापसूनच तांबशें, लिंबाचे रूचीचें बाश्पनशील (Volatile) 'इंडियन मोलिसा' हें तेल मेळटा. ह्या तेलांत सारक, उत्तेजक आदी गुणधर्म आशिल्ल्यान तें पटकीचेर दितात. ह्या तेलापसून आयोनोन (Ionone) हेंय द्रव्य काडटात. 'अ' जीवनसत्वाच्या संश्लेशणा खातीर ह्या द्रव्याची गरज आसता. अत्तर, वासाळ द्रव्यां, वखदां आनी शाबू करपाक हें तेल वापरतात.

चरत्याचेर (Ringworm) पानांचो लेप आनी ताक हांची भरसण करून लायतात. काळीं मिरयां घालून केल्लो गंजनाचो काडो रगत चडप, शिरो दुखप, ओंकारो, पातळ परसाकडे असल्या दुयेंसांचेर दितात.

थंडी, अपचन ह्या विकारांचेर उपाय म्हूण गंजनाची च्या (काडो) करून घेवपाची चाल कोंकणांत आसा. हे च्यायेक लिंबाची रूच आसता.

- **सं. मं.**

**गंजीफा :** पत्त्यांच्या खेळा सारकोच एक खेळ. ताचे खूब प्रकार आसात. महाराष्ट्रांत दशावतारी गंजीफा प्रसिद्ध आसा. बाबरनाम्यांत गंजीफाचो उल्लेख मेळटा. काबूने इस्लाम, ऐने अकबरी, गिरीधरकृत गंजीफा लेखन, श्रीमत्वनिधी ह्या ग्रंथांनी गंजीफा ह्या खेळाचें वर्णन मेळटा. पूण प्रत्येक जाग्यार हाची म्हायती वेगवेगळी दिल्ली आसा. ह्या खेळांच्या काय डावांत 96 पानां आसता आनी ताचे चंग, बरात, किमास, समशेर अशे आठ गट आसता. श्रीतत्वनिधींत 13 प्रकार दिल्ले आसा. काय जाग्यार गंजीफाक छंद अशें म्हणटात.

दशावतारी गंजीफाच्या खेळांत मत्स्य, कच्छ, वराह, नरसिंह, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण, बुद्ध आनी कलंकी ह्या धा अवतारांची राजा, वजीर आनी एक्को ते दशशो अशी एकूण 12 पानां मेळून 120 पानां वापरतात. तीग जाण खेळपी तीं सारकी वाटून घेतात.

दिसाचो खेळ सुरू करतना जाच्या हातांत राम, राजा आसता तो डाव सुरू करता आनी रातचे खेळ सुरू करतना जाच्या हातांत कृष्ण, राजा आसता तो डाव सुरू करता. ताका सुर्क्या म्हणटा. तो पयलीं राम राजा आनी त्याच रंगाचें एक ल्हान पान सकयल उडयता. बाकीचे खेळपी आपल्या हातांतलें ल्हान पान त्या पानार उडयता. अशी रितीन एकठांय जाल्लीं पानां सुर्क्याक मेळटात. अशा पद्दतीन खूब प्रकारांनी पानां मेळोवपाक मेळटा. एकाचो डाव सोपल्या उपरांत दुसरो त्याच रितीन पान मेळयता. निमाणी जाच्या कडेन चड पानां जमता ताका दुसऱ्या खेळप्यांकडच्यान पानां ओडपाचो अधिकार मेळटा.

संतोषकुमार गुलवाडी हाणे गंजीफा कला आनी कलाकार हांचो परिचय करपी लेखन केलां.

- **सं.**

**गटारी आमास (उमास)** : आशाढ म्हयन्यांतली कृष्ण पक्षांतली
आमास. हे आमासेक आदल्या काळांत चडशे बेबदे नाकापुरो जायसर पियेताले आनी तो लागलो म्हणटकच गाबुदे भायरे जावन रस्त्याकुशिच्या गटारांत पडटाले. ताचे वयल्यान हे आमासेक गटारी आमास हें नांव पडलां आसूं येता. हिंदु म्हयन्यांच्या हिसबान शिरवण (श्रावण) हा पांचवो म्हयनो लोकांचो शिवराक जेवणाचो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत नागपंचम, गोकुळाष्टम, आयतार-पुजा हे सण आनी हेर बरींच व्रतां येतात. हिंदु लोक ह्या म्हयन्यांत शिवराक जेवण जेवतात.

तशेंच कांय लोक एके धार्मीक भावनेन शिरवण म्हयनोभर शिवराकच जेवतात. तशेंच ह्या म्हयन्यांत मद्यपान (सोरो) करिनात. फुडें म्हयनोभर शिवराक जेवचें आशिल्ल्यान शिरवण (श्रावण) म्हयनो सुरू जावचे आदले दिसा म्हणजे आशाढ - उमासेक भरपूर नुस्त्याचें, चिकन - मटणाचें जेवण जेवन घेतात. सोरो - पिवपी मांसाहारी जेवणा वांगडा त्या दिसा हिसपा भायर सोरो पितात. हें पिवप अती जाल्ल्यान मागीर ते रस्त्यार, गटारांत लवंडटात.

प्रत्येक धर्मांत थारावीक काळांत मौज-मजा करपाचेर धार्मीक बंदन आशिल्ल्यान त्या काळा पयलीं नाकापुरो जायसर मौज-मजा, खावप पिवप करून बंधनाच्या काळांतली भरपाय करून घेवपाची चलणूक आसा. किरिस्तांव धर्मांत 'लेंट'च्या एका म्हयन्याच्या काळांत उपास करपाचो आसता. हो उपास सुरू जावचे पयलीं खायात, पियात, मजा करात असो संदेश दिवन लोकांक मौज मजा करपाची मेकळीक दिवपी कार्नीवाल (इंग्रज) हो उत्सव मनयतात. मुसलमान धर्मांत असो कसलो उत्सव मनयना आसले तरी रमझानांतल्या एका म्हयन्याच्या उपासा उपरांत गोड-गोडशें तशें मांस-मटण करून खावपाची प्रथा आसा.

- सं.

**गडकर, जयश्री गोविंदराव** : (जल्म 21 मार्च 1942, सदाशिवगड, कारवार -कर्नाटक, मरण : मुंबय)

मराठी, हिंदी सिनेमा मळा वयली श्रेश्ठ कलाकार. हिचो जल्म सदाशिवगड-कारवारच्या कणसगिरी ह्या गावांत जालो. तिचें मुळचें नांव मीना. ताचो बापूय तबलापटू आसलो. नाट्यकलाकार श्री बाळ धुरी हाचे कडेन तिचें फेब्रुवारी 1975त लग्न जालें. जयश्रीच्या ल्हानपणांत तिचें कुटुंब मुंबय रावूंक गेलें. हांगा जयश्रीन श्यामला माजगांवकार, मन्ना मास्तर आनी हेर नाच-शिक्षकां कडल्यान नाचाचें शिक्षण घेतलें. नटराज गोपीकृष्ण हाचे कडल्यान ती कथ्थक शिकली. मुंबय रावताली ते चाळींत जावपी कार्यावळींनी तशेंच हेर कडेन तिणे 'नटीचा नवरा', 'मैलाचा दगड', 'अर्ध्या वाटेवर', (नागेश जोशी), 'साष्टांग नमस्कार', 'उद्याचा संसार' (प्र. के. अत्रे), अशा नाटकांनी हौशी रंग माचयेर काम केलें.

व्ही शांताराम हाच्या 'झनक झनक पायल बाजे' ह्या



चित्रपटांतले एक ल्हानशे भुमिकेंतल्यान तिची चित्रपट कारकिर्द सुरू जाली. 'दिसतं तसं नसतं' चित्रपटांत तिका स्वतंत्र नाच करपाची संद मेळ्ळी. 'गांठ पडली ठकाठका' ह्या चित्रपटांतली तिची पयली नायिकेची भुमिका आसली. (1956). 'सांगते ऐका' चित्रपटांतली तिची भुमिका तोखणायेक पात्र थारली. सोबीत व्यक्तीमत्व, अभिनयाची खोलायेन जाणकारी ह्या गुणांक लागून तिणे काम केल्ले जायते चित्रपट लोकप्रिय जाले. फुडें फुडें तर जयश्रीक नदरे मुखार दवरूनच चित्रपटांची निर्मिती जावंक लागली. इतली तिणें ह्या मळार नामना जोडली. तमाशाप्रधान, भावनाप्रधान, पौराणीक, इतिहासीक अशा साबार भुमिकेंतल्यान तिणे उच्च दर्जाचो अभिनय केला.

सुमार 100 मराठी आनी 90 हिंदी चित्रपटांनी तिणे काम केलां. हिंदी चित्रपटांत तिणे मुखेलपणान धार्मीक व्यक्तीरेखो साकार केल्यात. 1990 उपरांत तिणे दिग्दर्शन आनी चित्रपट निर्मिती करपाक घेतली. 'सासर माहेर' आनी 'अशी असावी सासू' हे तिणें दिग्दर्शीत केल्ले चित्रपट आसात.

भालजी पेंढारकर, राजा परांजपे, दत्ता धर्माधिकारी, व्ही. शांताराम, अनंत माने, बाबुभाई मेस्त्री सारक्यां दिग्गज दिग्दर्शकांवांगडा आनी अरूण सरनाईक, राजा गोसावी, सुर्यकांत, चंद्रकांत, श्रीराम लागू, रमेश देव, निळू फुले सारक्या प्रतिभावंत अभिनेत्यां वांगडा तिणे तितकेच ताकदीन काम केलां.

**जयश्रीबायची भुमिका आशिल्ले चित्रपट अशे :**

'आलिया भोगासी', 'आई मला क्षमा कर', 'पहिलं प्रेम', 'देवाघरचं लेणं', 'उतावळा नारद' (1957), 'संस्कार', 'पडदा' (1958), 'याला जिवन ऐसे नांव', 'पतिव्रता', 'एक अरमान मेरा', 'मदारी', 'दो गंडे', 'चरणों की दासी' (1959), 'लग्नाला जातो मी', 'सारंगा', 'पंचारती', 'बिंदिया', 'पोलिस डिटेक्टिव्ह' (1960), 'कलंक शोभा', 'मानिनी', 'रंगपंचमी', 'वैजयंता', 'जय भवानी', 'रामलीला', 'ससुराल' (1961), 'बाप माझा ब्रह्मचारी', 'भाग्यलक्ष्मी', 'प्रितिविवाह', 'सुख आले माझ्या दारी', 'प्रायव्हेट सेक्रेटरी' (1962), 'नार निर्मिते नरा', 'सुभद्रा हरण', 'सुखाची सावली', 'एक दोन तीन', 'काय हो चमत्कार', 'सवाल माझा ऐका', 'सुंदरा मनामध्ये भरली', 'वैशाख वणवा', 'सती सावित्री', 'सीता मैया'(1964), 'गोपालकृष्ण', 'महा सती अनुसया', 'आई कुणा म्हणू मी', 'साधी माणसं', 'युगे युगे मी वाट पाहिली', 'कधी करिशी लग्न माझे' (1965), 'तुफान में प्यार कहां', 'ही नार रूपसुंदरी', 'हिरवा चुडा', 'पाटलाची सून', 'पवन काठचा धोंडी', 'वीर बजरंग' (1966), 'पूनम का चांद', 'बहारो के सपने', 'सांगू कशी मी', 'श्रीमंत मेहुणा पाहिजे', 'सुरंगा म्हंत्यात मला', 'लव कुश' (1967), 'बलराम श्रीकृष्ण', 'हर हर गंगे', 'माता महाकाली', 'जिव्हाळा' (1968), 'डोंगरची मैना', 'गण गौळण', 'मुरली मल्हारी रायाची', 'टिका लाविते मी रक्ताचा', 'राम भक्त हनुमान' (1969), 'भगवान परशुराम', 'दगाबाज', 'श्रीकृष्ण लीला', 'घरकुल', 'वीर घटोत्कच', 'मीच तुची प्रिया' (1970), 'माया बाजार', 'तुलसी विवाह', 'आई उदे ग अंबे बाई', 'लाखात अशी देखणी', 'अशीच एक रात्र होती', 'माता वैष्णोदेवी' (1971), 'नागपंचमी', 'हरिदर्शन', 'कस काय पाटिल बरं हाय का', 'कुकू माझं भाग्याचं', 'पाठराखिण', 'सून लाडकी या घरची', 'शिवभक्त बाबा बालकनाथ' (1972), 'मी तुझा पती नाही', 'महासती सावित्री' (1973), 'हर हर महादेव', 'दावत', 'बालक ध्रुव', 'किसान और भगवान', 'सून माझी सावित्री', 'सुगंधं कट्टा', 'भगत धन्नाजाट' (1974), 'पाच रंगाची पाच पाखरे', 'एक गांव की कहानी', 'अलख निरंजन', 'स्वर गंगेच्या काठी' (1975), 'माझा मुलगा, 'बजरंग बली (1976), 'गायत्री महिमा', 'बोलो हे चक्रधारी (1977), 'चांदोबा चांदोबा भागलास का' (1978), 'हर हर गंगे', 'लागे बांधे' (1979), 'सवत', 'जिद्द' 'कडक लक्ष्मी', 'सौभाग्यवाण', 'शिवशक्ती', 'निशाना (1980), 'जिये तो ऐसे जियो', 'सून माझी लक्ष्मी'

बाईने केला सरपंच खुळा', 'आई तुळजा भवानी' 1981), 'आव्हान', 'फर्ज और कानून', 'सती ागकन्या' (1982), 'हे दान कुंकवाचे', 'थोरली जाऊ' 1983), 'अत्तराचा फासा', 'गंगावतरण', 'रथ तगन्नाथाचा', 'जखमी वाघीण', 'नया कदम', 'सुलगते अरमान', 'श्रवण कुमार', 'सिंदूर का दान' (1984), मास्टरजी', 'वीर भीमसेन', 'खिचडी', 'देवाशपथ खरं गंगेन' (1985), 'बिजली', 'कृष्ण कृष्ण, 'पंचों को गजी', 'रामायण' (दूरदर्शन मालिका) (1986), भटक भवानी', 'पूर्ण सत्य', 'शेर शिवाजी', 'नजराना' (1987), 'माल मसाला', 'कानून अपना अपना' 1989), 'अमीरी गरीबी' (1990), 'माहेरची साडी' (1992), 'सासर माहेर' (अभिनय आनी दिग्दर्शन 1997).

'साधी माणसं', 'सवाल माझा ऐका', 'मानिनी, जयंता ह्या चित्रपटांतले भुमिके खातीर केंद्रीय पुरस्कार तिका फाव जाल्यात. 'साधी माणसं', 'पाटलाची सून', थांब लक्ष्मी कुंकू लावते', घर गंगेच्या काठीं', चित्रपटांवरवी तिका महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार फाव जाल्यात. तिका ग. दि. माडगुळकर पुरस्कारय फाव जाला. (1997). 'सांगते ऐका' हो तिची मुखेल भुमिका आशिल्ल्या चित्रपटान एकाच चित्रपट घरांत 138 सप्तकां चलपाचो विक्रम केला.

''अशी मी जयश्री'' हे तिचें आत्मचरित्र 1986त प्रसिद्द जाले.

-सं. मं.

-संदेश श्रीकांत बांदेकर

**गडगडो : (जुगार) :** गडगडो हो एक जुगाराचो प्रकार. ह्या प्रकारांत स बाजू आशिल्लो समचवकोनी पासो, (फांसो) तो घुंवडावपाची डबी आनी एक ते स आंकडे आशिल्लो आंकडे पट आसता. लाकूड, हाडां, शिमीट-माती, प्लास्टीक सारक्या जिनसांपासून तुळतुळीत आंगाच्या पाशाच्या एक ते स बाजूंचेर एक ते स बारीक वर्तुळां कोरांततात. प्रत्येकी एक ह्या प्रमाण एके बाजूचेर एक वुर्तळ सुरू करून फुडें दुसरे बाजूचेर दोन वुर्तळां, तिसरेचेर तीन वुर्तळां अशे करीत सवे बाजूचेर स वुर्तळां कोरांततात. आंकडेपटाचेर दोन रांको आसून वयले रांकेंत तीन आनी सकयले रांकेंत तीन खण अशी विभागणी करतात. वयले रांकेंतल्या तीन खणांनी 1 ते 3 आंकडे आनी सकयले रांकेंतल्या तीन खणांनी 4 ते 6 आंकडे पितरायतात.

गडगड्याचो जुगार खेळोवपी मनीस पासो डबयेंत घालून तो डबयेंतले डबयेंत हालयता. गडगडो खेळपी आंकडेपटावयल्या एका वा एकापरस चड आंकडे - खणांत पयशे दवरता. एक वा कितलेय जाण एका आंकड्याचेर दुडू लावंक शकता. तशेंच एकलो कितल्यांय आंकड्याचेर पयशे लावंक शकता. आंकड्याचेर पयशे लावन जाले उपरांत गडगडो हालोवपी गडगड्याची डबी तोंड सकयल तळ वयर अवस्थेंत मुखा वयले सुवातेर दवरून गडगडो डबयेपोंदा धांपून दवरता. पाशा वयली डबी काडीसर गडगडो खेळतल्यांक आंकड्याचेर पयशे लावपाक मेळटात. उपरांत गडगडो चलोवपी पाशा वयली डबी कुशीक काडून पाशाच्या वयल्या बाजूक जो वर्तुळाचो आंकडो आसता त्या पटावयल्या आंकड्यार लायिल्ल्या पयशेकारांक त्या पयश्यांच्या दोट्टी -तिट्टी चौपट (जशी खेळचे आदीं



थारावणी केल्या ते प्रमाण) पयशे परत मेळटात. जांकां अशें पयशे परत मेळटा ते त्या डावापुरते जिखता. उरिल्ले हारता. हारिल्ल्यांचे आंकडे-पटावयले पयशे गडगडो चलोवप्याक मेळटात. डबयेंत पासो हालतांना गडगड असो आवाज जाता आशिल्ल्यान ह्या जुगार प्रकाराक गडगडो म्हणटात.

गोंयांत जात्रा-काल्यांनी आनी हेर धार्मीक सुवाळ्यांनी रातच्या वेळार अशे गडगड्याचे जायते मांड मांडिल्ले दिसतात. गडगड्याच्या जुगाराक कायदेशीर मान्यताय नाशिल्ल्यान ते बेकायदेशीरपणान चलतात.

आदल्या काळांत पाशांचो जुगार बऱ्याच देशांनी चलतालो म्हणपाची नोंद मेळटा. महाभारतांत कौरव-पांडवांमदीं जाल्ल्या द्युतांत कौरवां वटेन शकुनी मामान उडयल्ल्या पाशांनी पांडव हारले आनी तांणी आपलें राज्य वगडायल्लें म्हणपाची कथा आसा. नल दमयंती पुराणांत पुष्करा कडसून द्युतांत हारिल्ल्या नल राजाच्या नशिबांत वनवास आयिल्ल्याची कथा आसा. आचार्य शूलपाणी हाचो 'चतुरंग दीपिका' हो द्युताचेर संस्कृत ग्रंथ आसा.

आदल्या काळांत द्युता सारके जुगार सगळे कडेन चलताले आसले तरी लागीं लागीं सगळ्यांच सस्कृतींनी, समाजांनी आनी सरकारांनी द्युत-खेळप अनितीकारक आनी बेकायदेशीर मानलां. धार्मीक ग्रंथांनी ताका पातक म्हणलां. आधुनिक काळांतय अशा जुगारांक आळाबंद हाडपाक कडक कायदे केल्यात. जुगारांतले हार-जितेक लागून समाजांत नैतीक, आर्थीक आनी मानसीक अरिश्टां उप्रासता आशिल्ल्यान समाजांतय जुगाराक प्रतिश्ठा मेळना.

-सं.

**गडणीस, अनंत विश्वनाथ :** (जल्म : 13 ऑगस्ट 1933, मडगांव-गोंय).

एक सर्जनशील गोंयचो छायाचित्रकार. घरालागसारच आशिल्ल्या फोटो स्टुडिओंत कॅमेरा हाताळपाची आवड आशिल्ल्यान पिरायेच्या 14-15 वर्साचो आसतना ताका कॅमेरा आनी छायाचित्रणाचें आकर्शण जालें. एक कॅमेरामॅन म्हण नांव कमवपाचें ताचें ध्येय आसलें. पूण बापायच्या कडक शिस्तीक लागून 18 व्या वर्सा गडणीस घरांतल्यान पळून गेलो. मुंबयच्या फेमस स्टुडिओचो सीताराम नायक हाच्या फेमस स्टुडिओचो लाइट-इनचार्ज वासुदेव दिवकर हाच्या घरा ताका आसरो मेळ्ळो.

अनंत दिसाचो कॅन्टीन-व्यवस्थापक म्हण काम करतालो आनी रातचो स्टुडिओंतल्या कॅमेरा हॅल्परा कडल्यान कॅमॅरा कसो हाताळपाचो हें बारीकसाणेन शिकून घेतालो.

वासुदेव दिवकर हाणे फेमस स्टुडिओचो कुशळ कॅमेरामन श्री पांडुरंगराव नायक हाचे कडेन अनंताची वळख करून दिल्ल्यान ताका बरेंच मार्गदर्शन मेळ्ळें. तशेंच मुखार प्रसिद्द सिने छायाचित्रण संचालक व्ही. अवधूत आनी ताचो सहाय्यक चंदुमामा बुदोडेकार हांचे कडेन फिल्मी छायाचित्रणाचें शिक्षण घेतलें. कॅमॅरा कसो घुंवडावचो, प्रकाश येवजण, फिल्म डेव्हलप कशें करप, प्रयोगशाळेंतलीं तंत्रां कशी वापरप अश्यो कितल्योश्योच गजाली ताणें आत्मसात करून घेतल्यो. 1953 ते 58 मेरेन ताणे हें शिकप चालू दवरलें.

एक दीस चित्रपती व्ही. शांताराम हाचो भाव व्ही. अवधूत हाणें अनंताक आपल्या हाताखाला काम करपाची संद दिल्ल्यान ते संदिचो ताणें बरो उपेग करून एक कॅमेरामॅन म्हण तो नांवारूपाक आयलो.

अनंतान सुमार 10 चिटपटांचें छायाचित्रण केलें. ताचें पयलें 'दासी' ह्या चित्रपटांतलें स्वतंत्रपणान केल्लें छायाचित्रण आसा.

तशेंच 1959 ह्या वर्सा व्ही. अवधूत हांचो सहाय्यक कॅमेरामन म्हण 'लैला मजनू' आनी 'रेल का डिबा' (शम्मी कपूरालो पयलो चित्रपट) ह्या दोन चित्रपटांचें छायाचित्रण केलें.

1962 ते 65 च्या सुमाराक तांणे छायाचित्रीत केल्ले

संत बहार' आनी 'सेलिंग द सेव्हन सीन' हे म्हायतीपट रतांत नवीनच आयिल्ल्या दुरदर्शनाचेर प्रक्षेपित केल्ले. 1965 वर्सा 'मला देव भेटला' हो अनंतान कल्यानच पुरायपणान चित्रीत केल्लो पयलो चित्रपट ासा. मुखार 'दो आँखे' (1966), 'कामना' 1967), 'मेरे गरीब नबाज' (1969), 'कोरा बदन' 1970), हैवान' (1980), 'सोफिया' (1981), नेशान' (1982-84), 'काँच की दीवार' (1987 ते 9), 'वक्त का सिकंदर' (1991 ते 93) हे चित्रपट णे चित्रीत केले. 1971 ते 79 ह्या काळांत ताणें ंगला देश युद्धाचेर वृत्तपट आनी 10 पंजाबी चित्रपटांचें ायाचित्रण केलें. 1994 सावन तो दुरदर्शन मालिकांचें ायाचित्रण करपाक लागलो.

आपल्या छायाचित्रीकरणा खातीर भारतांत तशेंच ापान, हाँगकाँग अश्या कितल्याश्याच देशांनी तो ावलो. सर्जीकल फोटोग्राफींत तो फिशाल आसलो.

- सं. मं.

**गडे** : शिगम्याच्या म्हयन्यांत (फाल्गून म्हयनो) आंगांत भार येवन जे मनीस खुदतात तांकां 'गडे' म्हणटात. गडे म्हळ्यार संख्याशास्त्राचे परिभाशेंत 'विशम' आंकडो. चडशेकडेन आंगात अवसर येतल्यांची संख्या 1, 3, 5, 7 अशी विशम उरता. ह्या कारणाक लागून तांकां 'गडे' म्हणटात आसुये. म्हादेवाच्या गणांचो (गड्यांचो) हो अवसर येता जाल्ल्यान तांकां गडे हें नांव पडलां आसूं येता. चडशे गडे आंगांत आयले की जमनीर पडटात. ते खातीर हे क्रियेक 'गडे पडप' अशें म्हणटात.

होळयेचे परबे कडेन गड्यांचो संबंद आशिल्ल्यान होळी पुनवेक वा होळये उपरांत दोन -तीन दिसांनी गडे पडटात.

खेत्रपाल, देंवचार, म्हारू ह्यो तमोगुणी देवता अशें मानतात. ह्या देवतांचें तीर्थ थारायिल्ल्या वेळार गडे घेतात. ताका लागून गाराणें घालिनासतना गड्यांचेर भार येता. भार आयल्या उपरांत गडे मांडार येवन पडटात. पडिल्ल्या गड्यांक कोणूय तरी उबो करून सावसीत करता. सावसीत जातकच गडे मांडा भोंवतणी एके वळींत घुंवपाक लागतात. गडे भोंवतासतना तांच्या कुडीवेलो अवसर देंविल्लो आसता.

कांय कडेन विदूशका वरवीं दोन मनीस 'नाच' करून गड्यांक चाळयतात. गडे रागान तांकां धरपाक धांवतात. तेन्ना ते पळून वतात. थोड्या वेळान विदूशक परते येवन गड्यांक चाळयतात. हाका लागून गंभीर वातावरणांत विनोदाची सया पातळटा. गडे बऱ्योच प्रदक्षिणा घाल्या उपरांत मसणांत वतात. गडे मसणांत वतकच विदूशक मांडार येवन मांड जागयतात. गडे मसणांत वचून सारयेची अर्दकुटीं जळिल्लीं लाकडां, कोंडे हाडटात. ह्या वेळार तांच्या आंगार



अवसर नासुनूय तांकां 'मसणबादा' जायना.

मसणांतले कोंडे, लाकडां, गडे मांडार घेवन येतात आनी थारावीक कुरवेन त्यो वस्तू मांडार दवरून मांडा भोंवतणी घुंवपाक लागतात. त्या वेळार मांड जागोवपी दुसरो एक मनीस तांकां सांगता, 'आपलो आपलो शृंगार वळखून दवरात' (ह्या मसणांतल्या वस्तूंक शृंगार म्हणटात.) भोंवताडे घालता आसतना गड्याच्या आंगांत परतो अवसर येता आनी रोखडोच निवळटा.

प्रदक्षिणा घालून जातकच मांड जागोवपी गड्यांक म्हणटा : 'आपलो आपलो शृंगार घेवन चलात.' ह्या वेळार गड्याच्या आंगांत अवसर येता आनी ते शृंगार घेवन वतात आनी थारायिल्ल्या जाग्यार उडयतात. शृंगार उडयनाफुडें अवसर निवळटा. अवसर निवळना फुडें गडे न्हातात आनी देवाच्या दर्शनाक वतात.

खेत्री, देंवचार आनी भुतां हे म्हादेवाचे गण आसून तांकां खोशी करपाक हो गड्यांचो प्रकार आसूं येता अशें म्हणटात. म्हादेव मसणांत रावता. थंयचीं लाकडां गडे वचून हाडटात आनी तांची होळी करतात. गडे पडप, भुतां खेतांचो गड्यांचेर भार येवप, मसणांतल्या लाकडांत हेर लाकडां भरसून होळी करप, वेल्यान गडे पडप हो म्हादेव आनी ताच्या भूतगणांचोच एक भाग जावन आसा अशें दिसता.

गोंयांत कांय वाठारांनी वेगवेगळे तरेन गडे पडटात. भट-बामण सोडल्यार गांवांत जितल्यो जाती आसात तितल्यांय जातींच्या एकट्याचेर तरी अवसर येताच. ज्या मनशाक 'जाणभास' येता असल्याचेरूच हो अवसर येता.

जाचेर अवसर येवपाचो आसता ताणें त्या दिसा अनवाळो रावपाचो आसता. अनवाळो रावलो ना जाल्यार ताचे कुडीक त्रास जातात असो समज आसा.

कांय गांवांत सकाळफुडेंच सगळे 'गड्यांच्या मांडार' जमतात. थंय धोल-ताश्याचें रूद्र वाजप वाजयतात. देवाक गाराणें घालून 'हर! हर! हर!' अशें म्हणत जाचेर गड्याचो भार येवंचो आसा ताचेर शेंसर (तांदूळ) मारतात



गड्यां जात्रां पैंगीण- गोंय

ानी गड्यांक बेगीन येवपा खातीर होरायतात आनी अशें ल्ल्यान एक एक गडो येवपाक लागता.

सगळ्यांत पयलीं गांवकारांचो गडो येता. उपरांत हेर ाप-आपल्या माना प्रमाण येवपाक लागतात. गडो ायलो म्हणटकच ताका सगळ्यांनी धरचो पडटा. ताका त्रन मांडाचे 'पांच भोंवताडे' काडटात आनी मागीर ड्याक आंब्यामुळांत व्हरून न्हिदयतात. ह्या वेळार ाच्या माथ्याचो मुंडासो सोडोवन कमराक बांदतात आनी ांगार कपडे आसल्यार ते झाडाचेर हुमकळायतात. ाच-धा मिनटां गडे एके थाराविल्ले अवस्थेंत उरतात. परांत तांकां थोडी भोव सूद येता.

सगळे गडे आयले म्हणटकच मांडा वयले वाजप ांबोवन मोन्यांनी ताळयो पेटीत रावतात. ह्यो ताळयो एके ाशेले पद्दतीनूच वाजोवपाच्यो आसतात.

सगळ्यांत पयलीं उठ्ठा गांवकाराचो गडो. मागीर हेर ागळे आप-आपल्या माना प्रमाण उठ्ठात आनी एके ोळीन मसण्णेंत वचूंक भायर सरतात. तांच्या फाटल्यान ांडार जमिल्ले हेर दादलेय वतात. ते ह्या वेळार ह्णटात.

**मसणा वचपा वाट बाबू**

**आपल्या गड्यांक आपूण सांबाळ!**

ममणांत वचून गडे थंयच्या हापशाक गाराणें घालतात ानी थंय दवरिल्लें 'मसण' घेवन थाण्यांत वतात. गड्यां ातीर थंय कांय माड राखून दवरिल्ले आसतात. त्या ाडांचीं आडसरां काडून तांकां दितात. कांय कोंडेय ारून प्रत्येकाक एकेक दांडो करून दितात. नसणांतल्यान हाडिल्लें मसण त्या दांड्यार हुमकळावन ाडे मागीर गांवांत भितर सरतात.

मसणांतल्यान गडे थेट मांडार वतात. थंय एकामेकांचेर 'धुल्ल' मारून 'धुळवड' खेळटात.

उपरांत हेर दादलेय धुळवड खेळूंक लागतात. आज धुल्लाचो जागो जरी तरेकवार रंगाच्या गुलालान घेतला आसलो तरी परंपरा म्हण सुरवात धुल्लानच जाता.

ह्या दिमा गड्यांच्यान कोणायल्याय पोरसांतलीं फळां काडून व्हरपाक येतात. पणस, केळीं, पोपायो आदीं सारकेलीं फळां मुद्दाम गड्यां खातीर आपल्या झाडार सांबाळून दवरतात. गड्यांक केळीं, गॉड, सोरो दिवपाच्यो आंगवणी करतात.

गांवांत थोडो वेळ गडे भोवल्या उपरांत ते मसणांत वतात आनी मसण परत दवरून येतात. येतना तांकां वाटेर कोंबो आनी केळीं भाजून दितात.

मसण दवरपाक वच्चे पयलीं गडे मांडार थोडा वेळ नाचतात, त्या वेळार थंय आशिल्ले गडे म्हणटात :

**ताळी पेटा, भोबे भाजा!**

**ताळी पेटा, भोबे भाजा!**

मसण दवरून येतकच कांय वेळ गडे मांडार परतून नाचतात. ह्या वेळार खुबशीं पोजडीं उतरां उलोवपाची चाल आसा.

निमाणें गड्यांक न्हाणयतात. जित्या चुडटाचें एक 'मल्ल' गांवकारान मांडार व्हरून दवरिल्ले आसता. गडे तें मल्ल माथ्यार घेवन नाचतात. नाचता नाचता गांवकार तांच्या माथ्यार थंड उदकाचो कळसो ओतता आनी एकाएका गड्याक मल्ला पोंदच्यान काडटा.

हो विधी जाल्या उपरांत गड्यांच्या आंगावेलो भार निवळटा.

उपरांत सगळे गडे एक जावन पाणट्यार वचून न्हातात. पाणट्यार ह्या वेळार गांवकार घराण्याची 'मागील पुरवण' करपाची आसता. एक 'कोंबो' आनी एक 'फळ' गांवकार ह्या वेळार तांकां दिता. गांवकारान दिल्लो कोंबो थंयच भाजून खातात.

गडे पडपाच्या विधी उपरांतची कार्यावळ सगळे कडेन एक सारकीं नासता. गावां-गावांप्रमाण आनी जाती-जातीप्रमाण हातूंत थोडो भोव फरक उरता.

कांय कडेन शिगम्याची धुळवड (गुलाल) म्हणजे, शिगम्या-परबेचो निमणो दीस मनयल्या उपरांत, गांवकार न्हांवन देवळांत जमतात. देवाक गाराणें, होरावणी, शेंसर मारून गड्यांचेर भार काडटात. अशे भार (अवसर) आयिल्ल्यां गड्यांकडसून नाल्ल्यार बिबूत (पवित्र

गोबोर) घेवन ते गांवराखणेचो वा घर राखणेचो नाल्ल समजून देवळांत, घरांत दवरता. बिबूत कलपाक लायता. अशा वेळार भार आयिल्ले गडे लोकांचे भलायकेचे, धंद्या वेव्हाराचे, शिक्षण-नोकरेचे प्रस्न (अडी-अडचणी) आयकतात आनी तांचो सुटावो जावपाखातीर नाल्ल-बिबुतिच्या रूपान लोकांक आशिर्वाद दिता.

दिवचल तालुक्यांतल्या साळ ह्या गावांतले महादेव भुमिका देवीचे जात्रेक गडे पडपाची कार्यावळ (गड्यां उत्सव) खूब नामना जोडून आसा. हांगा व्हड प्रमाणांत गडे पडटात आनी ते रातभर देवळा लागीं आशिल्ल्या दोंगरार दाखय लिपय करतात. ते थंय चुडी घेवन भोंवतात आनी अत्तां एके सुवातेर दिशिल्लो चुडिचो उजवाड सट्ट करून थंयचो ना जावन दुसरेच सुवातेर दिसता. ह्या गड्यांक दैवी शक्त प्राप्त जाल्ल्यान ते एके सुवाते वयल्यान दुसरे सुवातेर अद्दश्यपणान वावुरता असो समज आनी भावार्थ लोकांमदीं आसा.

ह्यां गड्यांक थंयचो देवचार आपले सुवादीन घेता, आनी आपणांक जाय त्या गड्यांक लिपयता असोय समज आसा. ताणे लिपयल्ल्यां गड्यांक सगळें दिसता, पूण उलोवंक येना. तशेंच ते हेर लोकांक दिसना असोय समज आसा. दोंगराचेर पेटपी एक चूड ही ह्या देवचाराची चूड आसून ती गड्यांक मार्गदर्शन करता अशें समजता.

गोंयात काणकोण तालुक्यात पैंगीण गांवांत वेताळ देवाच्या तिसाली गड्या जात्रा जाता. हे जात्रेंत सुमार 60 फूट उंचायेचेर, दोन खांब्याचेर, राट बांदता आनी ह्या राटार गडे जाल्ल्यां व्यक्तिक बांदून तें राट गरागरा घुंवडायता.

आदल्या तेंपार सर्रासपणान चलपी ही गड्यांची प्रथा आतां उणी जाल्या. गडो पडप हें आपल्या घराण्याचें भोवमानाचें प्रतीक समजप जातालें. आपल्या घराण्यांत परंपरेन आयिल्लो अवसर असोच फुडेंय येवंचो म्हणून खासा धार्मीक विधीय करप जाताल्यो. आयचे तरणे पिळगेक ताचें आतां अप्रूप उरूंकना.

-सं.

**गडे धाडप :** शाळा चुकोवन घरा रावतल्या विद्यार्थ्यांक शाळेंत हाडपा खातीर केल्ली वेवस्था. आदल्या काळांत, विद्यार्थी आयचे सारके नेमान शाळेंत येनासले. कांय जाण घरच्या, शेता-कुळागाराच्या कामांक लागून शाळेंत गैरहजर रावताले. कांय जाण आळसायेन तर कांय जाण अभ्यासाक भियेवन तर कांय मास्तराच्या माराक भियेवन शाळेंत वच नासले. हातुंतले कांय जाण शाळेंत वता अशें घरांत सांगून शाळेंत वचनासतना घरा भायर खंय तरी लिपून रावताले.

अशा शाळा चुकोवपी भुरग्यांक शाळेंत हाडपा खातीर, शळेंतलो मास्तर शाळेंतल्या हेर विद्यार्थ्यांक (गड्यांक) धाडटालो. हे गडे लिपिल्ल्यां विद्यार्थ्यांक धरून तांकां ओडीत वा खांदार घेवन तांची गांवभर धींड काडटाले. गावांतल्यान चलतना त्या भुरग्यांच्या नांवान 'होर गया' असो गजर लावन तांची लज काडटाले. तांच्या आवय-बापायचीय हाका संमती आसताली.

अशे भुरगे मागीर ही लजकाडी धींड चुकोवपा खातीर म्हणून तरी नेमान शाळेत येताले.

-सं.

**गडें - फाडें :** एक पारंपारीक गांवठी खेळ. ह्या खेळाक व्हडलिशी सामुग्री लागना. तशेंच उण्यांत उणे दोन खेळगड्यांमदीं हो खेळ चलता. चडांत चड कितलेय खेळगडे घेवं येतात.

हो खेळ खेळगड्यांच्या अदमासाचेर चलता आशिल्ल्यान ह्या खेळाक बुद्दिची वा शक्तीची व्हडलिशी गरज पडना. ह्या खेळाचें मनोरंजन हें मुखेल प्रयोजन आसा. गडे म्हणल्यार 1, 3, 5, 7, 9, 11 अशे एकेरी संख्या आनी फाडें म्हणल्यार 2, 4, 6,8, 10, 12 अशी दुहेरी संख्या.

ह्या खेळांत वांटो घेवपी खेळगडो आपले मुठींत गड्याचे वा फाड्याचे संख्येन पोंगऱ्या बिंयो वा चिचारे (चिंचे बिंयो) धांपता आनी दुसऱ्या खेळगड्याक 'गडें काय फाडे' म्हण विचारता. दुसऱ्या गड्यान मुठींतले

ख्येचो अदमास घेवन गडें वा फाडें म्हणून सांगलें आनी चे खरें जालें जाल्यार मुठींतल्यो बिंयो सांगतल्याक ळटा. जर ताचे फट जालें तर सांगतल्याचे मुठींतल्यो ायो विचारपी खेळगड्याक मेळटा. खंयचोय खेळगडो ायच्याय खेळ गड्यामुखार वचून हो खेळ खेळूं येता. ारावीक वेळ लावन खेळ खेळले उपरांत जोडिल्ल्या, ाडिल्ल्या बियांची मेजणी जाता. जाचे कडेन चड बियो मतात ते जैतीवंत जातात.

**कोंकणी म्हण : गड्यांतय वाटना आनी ाड्यांतय वांटना.** जेन्ना खंयच्याय प्रस्नाचेर असो वा सो (दोनूय रितीनी) निकाल लागना तेन्ना ही म्हण ापरता.

- एन. सुहास

-सं.

**गड्यां जात्रा (उत्सव) : पळयात → गडे**

**गड्ड्यांचो खेळ :** गड्डो म्हणजे धंवसर ाची शिमिटाची वाटकुळी गुळी (गोटी). कांय ड्ड्यांचेर हेर रंगाचे तिबेय आसतात. हे गड्डे घेवन ळटा त्या खेळाक गड्ड्यां-खेळ म्हणटात.

ह्या खेळाचे मुखेल अशे तीन प्रकार आसात. 1) मेलांनी, 2) बोद्यानी, 3) कोयबानी.

**1) मिलांनी गड्ड्यां खेळ :** हो खेळ चार पांच जाण ळटा आसले तरी खेळ वैयक्तीक आसता. ह्या खेळांत ंगड नासता. दर एकलो आपलो गड्डो घेवन खेळटा.

ह्या खेळांत सपाट जमनिचेर समान अंतराचेर तीन मेलां (बुराक) खणटात. मिलाची रूंदाय चारेक इंच आनी खोलाय इंचभर आसता. तीन मिलां मदल्या एका तोंकाच्या मिला कडेन खेळगडे उबे रावतात आनी थंयच्यान आपले गड्डे दुसऱ्या तोंका कडल्या मिला वटेन एका फाटोफाट शेंवटितात. जाचो गड्डो मिलांत पडटा वा मिलाच्या चड लागीं आसता ताका पयलीं खेळपाक मेळटा. मील आनी गड्डो हांच्या मदल्या अंतरा प्रमाण उपरांतचे गडे खेळटात. ह्या खेळात हेर खेळगड्यांचे गड्डे मिलांपासून आपणेन पयस व्हरपाचे आनी आपलो गड्डो मिलां लागीं व्हरून मिलांत घालपाचो आसता. जो हें पुराय करता तो सुट्टा (जैतीवंत जाता) थारायल्ल्या वेळे भितर जे सुटना तांचेर हार (घूस) पडटा.

खेळ सुरू करतना पयलो गडो मिलाच्या आशीकुशीक आशिल्ल्या गड्ड्यांक एक एक करून मोखता. हे मोखणेक पेणो मारप म्हणटा. अशे पेणे मारून तो तांकां मिलापासून पयस व्हरता आनी आपलो गड्डो मिला लागीं हाडटा. मिला लागीं पावतकच तो हातान गड्डो मिलांत धुकलता. अशें करून तीनय मिलांनी गड्डे घालतकच तो सुट्टा. ताच्या उपरांत मिलाक लागीं आशिल्लो आतां आपलो खेळ सुरू करता. अशें करीत करीत थारायल्ल्या वेळा भितर जे कोण सुटना ताचेर घूस पडटा.

खेळ सुरू केलो म्हणून खेळगडो पयलेच फावट सुट्टाच अशें ना. पेणे मारप, मिलां भरप हें प्रक्रियेंत केन्ना ताचें पेणो मारप जायना वा मील भरप जायना. तेन्ना ताचो गड्डो हेर गड्ड्यां सारको पेणे घेवपाक उरता. ताचे फुडलो खेळगडो खेळटना हेर गड्ड्यां वांगडा ताच्याय गड्ड्यार पेणे मारून ताका मिलापसून पयस व्हरता.

घूस पडिल्ल्यांचे गड्डे पेणे मारीत मारीत सुटिल्ले खेळगडे मिला पासून पयस पयस व्हरता. आनी जंय हे व्हरप सोंपता थंयच्यान पावलान वा धोंपरान वा कोंपरान, जशें थारायता तशें, घूस पडिल्लो गडो आपलो गड्डो मिला-लागीं हाडटा.

**2) बोद्यानी गडड्यां खेळ :** हो खेळ चार-पांच जाणांचो एक अशा दोन पंगडांनी खेळटात. ह्या खेळांत सपाट जमनीचेर एक ते देड फूट व्यासाचें एक वर्तुळ आंखतात. हाका बोदो म्हणटात. ही आंखणी रंगाची वा जमनीर चर घालून करतात. एका पंगडाचे गडे आपले गड्डे वर्तुळांत दवरतात. दुसऱ्या पंगडाचे गडे एका थारावीक अंतरा वयल्यान आपले गड्डे वुर्तळा वटेन शेंवटून

वुर्तळांतल्या गड्‌ड्यांक भायर काडटात. कांय वेळा बोद्या भायल्या खेळगड्यांचे गड्डे वुर्तळांत शिरकतात.

वुर्तळां भायर आयिल्ल्यां गड्‌ड्यांचेर पेणे मारीत मारीत ते गड्डे वुर्तळापसून पयस पयस व्हरता. पेणे मारपाचें सोंपलें म्हणजे पेणे मारप जालेंना (म्हणजेच पेणे चुकले) तेन्ना हे गड्डे बोगद्याचे खेळगडे पायाच्या आंखाण्यान, धोंपरान वा कोंपरान धुकलीत धुकलीत वुर्तळांत (बोगद्यात) हाडून सोडटा. तेन्ना एका पंगडाचो खेळ सोंपता आनी दुसरो पंगड आपले गड्डे वुर्तळांत दवरता. जी कृती (खेळ) पयल्या पंगडान केल्ली ती आतां दुसरो पंगड करता.

**3) कोयबानी गड्‌ड्यां खेळ :** ह्या खेळांत एक फूट लांबाय - रूंदायेचो चौकट काडटात. ताचे मदीं मील खणटात आनी ताच्या फाटल्यान एक चिरो उबो करतात. हो खेळ चडांत चड दरेकी तीन खेळगड्यांच्या, दोन पंगडांनी खेळटात. खंयच्या पंगडान आदीं खेळप हें पारंपारीक आंकडे मोडींतल्यान थारायल्या उपरांत जो सुट्टा तो पंगड पयलीं खेळटा. ह्या पंगडांतलो एक खेळगडो आपल्या पंगडाचे तीनय गड्डे घेवन चौकोनाच्या पांच पावला फुडें आशिल्ले रेशे कडेन वचून ते घस्टून चौकोनांत उडयता. जर एक गड्डो चौकोनाचे रेशेर आनी दुसरो गड्डो मिलांत पडलो जाल्यार कोयबा जाता. एक गड्डो चौकोनांत आनी दुसरो चौकोनाच्या भायर पडलो जाल्यार दुसऱ्या पंगडाचो खेळगडो येवन तो गड्डो रेशेर चार बोटां पयस दवरता आनी खेळपी गड्याक 'लागता?' (म्हणजे दोनय गड्यांमदीं चार बोटां अंतर उरता कांय ना?) अशें विचारता. 'लागता' म्हण सांगलें तर तो सांगता त्या गड्‌ड्याक खेळगड्यान मोखप. मोखप जालेंना तर ताचो दाव वता.

मोखता आसतना त्या गड्‌ड्यार एक खूण करता. मोखले उपरांत खुणेचो गड्डो मिलांत वा चौकोनांत पडल्यार दाव वता. खुणेचो गड्डो चौकोना भायर पडल्यार ताका दुसरो दाव मेळटा.

खेळपी गड्यान जर 'लागना' म्हणलें तर विरोधी पंगडाचो गडो, एका गड्‌ड्याक मदल्या बोटान मात्सो फुडें धुकलता आनी खंयच्याय एका गड्‌ड्याक मोखूंक सांगता.

खेळपी गड्यान जर 'लागता' म्हणलें तर ताक खुणेचो गड्डो फातरार मारपाक मेळटा. खूण आशिल्ले गड्डो चिऱ्यार मारतकीच तो चौकोनांत पडपाक फावना.

**-एन. सुहास**

**-सं. मं.**

**गणपती :** एक दैवत. आंग मनशाचें आनी तोंड हतयाचें अशें ह्या दैवताचे स्वरूप. गणपतीक गणेश, एकदंत, वक्रतूंड, लंबोदर' गजानन आनी हेर जायत्या नांवांनी वळखतात. ह्या दैवताक भारतीय संस्कृतायेंत हिंदुंच्या धर्मीक जिवितांत एक उंचेली सुवात प्राप्त जाल्या.

गणेशाक वा गणपतीक विद्येचें तशेंच संकश्टाचे निवारण करपी दैवत म्हूण मानतात. गणांचो 'ईश म्हळ्यार स्वामी, शिवगणांचो मुखेली आनी शिवाचो पूत अशें ताचें स्वरूप.

'गणपती' हें नांव मरूद्‌गणाचो ईश ह्या अर्थान रूद्राकूय लायिल्लें दिसता.तैत्तिरीय संहितेंत उंदराक 'रूद्राचो पशु' म्हळां. तेचपरी शिवपुराणांत शिवाक लंबोदर, गजेंद्रकर्ण हीं विशेशणां लायल्यांत. त्रिनेत्र भालचंद्र, नागबंधन हीं शिवाचीं खाशेलपणां गणपतीकूय लायिल्लीं दिसतात. ताचे वयल्यान शिव रूद्र आनी गणेश हीं दैवतां अभिन्नरूप आशिल्लीं अशें दिसून येता हातुंतल्यान फुडें शिवपूत्र आनी शिवगणांचो मुखेल गणेश ही कल्पना सिद्ध जाली अशें दिसता.

गणपती हो पुर्विल्ल्या काळांतलो देव आसलो, तरीय तेविशींचे स्पश्ट उल्लेख पुर्विल्ल्या साहित्यांत मेळनात ऋग्वेदांत 'गणानां त्वा गणपति हवामहे' असो उल्लेख आयला. (ऋग्वेद, 2.13.1) मैत्रायणी संहितेंत आनी तैत्तिरीय आरण्यकांत, नारायणोपनिषदांत गणपतीचे



व्यासाचें 'महाभारत' गणपतीन बरोवन घेतिल्लें, अशी कथा उत्तर भारतांतले प्रतींतल्या आदिपर्वांत आसा. दक्षिण भारतांतल्या महाभारतांत ती कथा ना देखून हो कथाभाग प्रक्षिप्त आसा अशें विद्वानांचें मत आसा.

**आख्यायिका (कथा) :** गणपतीच्या जल्मा विशीं आनी ताच्या हतया तोंडा विशीं जायत्यो आख्यायिका चलतात. त्यो अश्यो : 1) पार्वतीन एक फावट न्हावपाक वतना स्वताच्या आंगाचो चिखोल एकठांय करून एक भुरगो तयार केलो आनी ताका न्हाणयेर राखण करपाक दवरलो. थोड्या वेळान शंकर थंय पावलो. तेन्ना त्या भुरग्यान ताका आडायलो. देखून शंकरान रागान ताचो शिरच्छेद केलो. ही घडणूक पळोवन पार्वतीक दुख्ख जालें. त्या वेळार शंकरान त्या भुरग्याक हतयाची तकली लावन जिवो केलो. ताकाच उपरांत 'गणपती' म्हणपाक लागले.

2) शंकरान आपल्या तपोबलान एक भुरगो तयार (निर्माण) केलो तें पळोवन पार्वतीक मत्सर जालो. तिणें स्राप दिवन त्या भुरग्याक विद्रूप आनी गजमूख केलो.

3) एक फावट हिमालय पर्वतार शिव-पार्वतीन हतयाचें रूप घेवन रतिक्रिडा केली आनी तिचें फळ म्हूण पार्वतीक हो गजरूप पूत जालो, अशें म्हणटात.

गुप्त काळां पयलींच्या साहित्यांत गणपती विशींचो स्पश्ट उल्लेख नाशिल्ल्यान, तशेंच ताच्या पयलींच्या काळांत लेगीत ताच्यो मुर्ती मेळूंक नाशिल्ल्यान आर्यांच्या दैवतांत गणपतीचो आसपाव नाशिल्लो, अशें म्हणूं येता. फौचर हाच्या मताप्रमाण गणपतीच्या पुर्विल्लेपणाक ताका लागून बादा येना. गणपती ही आर्येतरांची पुर्विल्ली ग्रामदेवता आसूं येता. ह्या मताक अस्तंतेच्या तशेंच भारताच्या विद्वानांनी तेंको दिला. हेर कांय ग्रामदेवता वांगडा गणपतीची मूर्त गांवा भायर झाडापोंदा आसताली.

ल्लेख आसा.

बौधायन सूत्रांत 'विनायकशांती' सांगल्या. विनायक क्रूर गण आसून तांणी कार्यांत विघ्नां हाडचीं म्हय म्हूण ांची शांती करची अशें म्हळां. याज्ञवल्क्यस्मृतींत नशांक झपाटून उडोवन तांच्या कार्यांत विघ्नां हाडपी क्षम अशें विनायकाचें वर्णन आसा. 'विनायक' ह्या णाचो मुखेल होच काळांतरान विघ्ननाशक गणेश ालो, अशें हाचें वेल्यान दिसता.

लिंग, अग्नि, शिव, भविश्य आनी हेर पुराणांत णेशाच्या अवताराच्यो कथा आसात. गणेशपुराण ांवाचें उपपुराणूय आसा. ह्या पुराणांनी चार युगांत होत्कटविनायक, गणेश आनी ध्रूमकेतू अशे चार भवतार वर्णन केल्यांत. तातुंतलो ध्रूमकेतू कलियुगांतलो भासून तो आजून जावपाचो आसा.

इ. स. पयलीं पांचवें तें सवें शतमान हो गरायणोपनिषदाचो काळ. विद्वानांच्या मतान तातूंत ाणपतीचो उल्लेख उपरांत जालो. रामायण आनी हेर कांय पुर्विल्ल्या पुराणांत गणपतीचो उल्लेख मेळना. कौटिलीय अर्थशास्त्रांत हेर देवांचीं देवळां कशीं बांदचीं हें सांगला. पूण तातूंत गणपतीचो आसपाव ना.



चित्रकार राजा रवी वर्मा हाणें काडिल्लें रंगचित्र

तिचे भक्त तिचे मुखार बळी दिवन तिका रगतान न्हाणयताले आसूं येता. शेंदूर लावप हें हुनमान आनी हेर ग्रामदेवतां प्रमाण गणपतीकूय लागता. तशेंच रक्तवर्ण, तांबडें वस्त्र न्हेसप, तांबड्या फुलांची आवड, दुर्वा, मोदक ह्यो पुजेच्यो वस्तू ह्या कांय लक्षणांवेल्यान गणपतीच्या आर्येतर मुळा कडेन निर्देश जाता.

आर्येतरांचो जेन्ना आर्य संस्कृतायेंत आसपाव जावंक लागलो, तेन्ना तांची वेवस्था करप भाग जालें. आर्यांनी ह्या मनशांच्या चोम्याक 'व्रात्य' हें नांव दिलें. (बौधायनांत वर्णसंकराक व्रात्य म्हळां). हे लोक विंगडविंगड जनावरांची रूपडीं घालून वावुरताले. ह्या लोकांची देवता हतयाच्या रुपान आर्य संस्कृतींत आयली. तिकाच 'व्रातपती' हें नांव पडलें.

इतिहासाच्या प्रवाहांत जायत्या जमातींच्या देवां खाशेलपणां एकठांय येवन अथर्वशीर्षांत वर्णन केल्ल गणपती सिद्ध जालो. वैदीक संस्कृतायेंत हो गणप आसपावतना ब्रह्मणस्पती कडेन ताचें सारकेंपण पळोव ताका ब्रह्मणस्पती म्हळ्यार गणपती अशें मानूंक लागले

गुप्तकाळांत सध्या प्रचलीत आशिल्लें गणपतीचें रू सिद्ध जालें. गणेश पुराणा सारक्या साहित्याची निर्मि जाली. गाणपत्यसंप्रदाय तयार जालो. बौद्धांनी तशें तंत्रमार्गीयांनी गणपतीचो आसपाव आपल्या प्रणाली केलो. तेन्ना सावन नेपाळ, ब्रह्मदेश, थायलंड (सयाम जपान, चीन, जावा, बाली, बोर्निओ आनी हेर शेजा देशांतूय गणपतीचो प्रसार जालो. आयजूय ह्या देशां खाशेल्यो गणेशमुर्ती दिसतात. भारतांत हिमालया सा रामेश्वरमेरेन हजारांनी गणेशस्थळां आसा महाराष्ट्रांतल्या अष्टविनायकाच्या सुवातींची व्हड नाम आसा.

19 व्या शेंकड्यांत लोकमान्य टिळकान राष्ट्रा भि स्वतंत्रतायेची जागृताय निर्मुपा खातीर गणपतीच महात्म्याचो उपेग करून घेतलो. तेखातीर ताणें भौशी गणेशोत्सवाची परंपरा सुरू केली.

**वर्णन** : गणपतीच्या रूपाचीं जायतीं वर्णनां पुराण



गणपती पावयतना (बुडयतना)

ल्लीं आसात. गणपत्यथर्वशीर्षांत गणपतीचें मूर्तिध्यान ल्ले तरेन दिलां :

**एकदन्तं चतुर्हस्तं पाशमङ्.कुशधारिणम।**
**रदं च वरदं हस्तैर्बिभ्राणं मूषकध्वजम्।**
**रक्तं लम्बोदरं शूर्पकर्णकं रक्तवाससम्।**
**रक्तगन्धानुलिप्ताङ्.ग रक्तपुष्पैः सुपूजिताम्।**

अर्थ :एकदंत, चार हातांचो, पाश आनी अंकुश धारण पी, एका हातांत मोडिल्लो दांत आनी दुसरो हात रद' मुद्रेंत, जाचे चित्र उंदीर आसा असो, तांबड्या ाचो, व्हडल्या पोटाचो, सुपासारक्या कानांचो, तांबडें त्र न्हेमपी, तांबडें गंध लावपी आनी तांबड्या फुलांनी ीत.

भारतीय चित्रकलेंत आनी शिल्पकलेत गणपतीक दोन पांच मेरेन तकल्यो, एक ते तीन दांत दाखयिल्ले ासतात. पयलीं तो दोन हातांचो (परशु आनी मुळो तांत घेतिल्लो) आशिल्लो. पूण फुडें ताका चार, स, ाठ, धा आनी सोळा हात दाखोवपाक लागले. पुण्यांत न सोंडिचो गणपती आसा. तीन तोंडांचे गणपती पानांत जाल्यार चार तोंडांचे कंबोडियांत आसात. गपतीच्या गळ्यात वा कमरेभोंवतणी सोरोप आसता. दीर हें ताचें चिन्र आनी वाहन. हेरंब गणपतीचें वाहन ाव, जाल्यार मयुरेश्वराचें मोर. हिमालयांत एक तकली ाशिल्लो 'मुंडकटा' गणपती आसा.

गणेश पंचायतनांत नर्मदेंतलो तांबडो गुणो (फातर) णेश म्हूण दवरतात. कांय सुवातींनी शिवा भशेन णेशाचीय लिंग रूपांत पुजा करतात. दावे सोंडेचो णपती चड प्रचारांत आसा. उजवे सोंडेचो गणपती चड ग्र मानतात आनी काय थारावीक घराणींच तो पुजतात. ायत्या सुवातींनी स्वयंभू आसात. ताका ाहासिद्धिदायक अशें म्हणटात.

**उत्सव** : गणपतीचो जल्मदीस भाद्रपद शुक्ल चतुर्थ ासून त्या दिसाक 'चवथ' म्हणटात. ह्या दिसा णपतीची मूर्त पुजेक लायतात. ती दुसरे दिसा पावयतात. ाका 'देड दिसाचो गणपती' म्हणटात. कांय कडेन पांच, सात,णव, इकरा, एकवीस दीस लेगीत गणपतीचें पूजन जाता.

चवथीक गणपतीचे पूजन भारतांत व्हडा उमेदीन जाता. पूण तें चड भौशीक स्वरूपांत आसता. कोंकण, गोंय आनी हेर थोड्याच सुवातींनी गणपतीचें पूजन घरांघरांनी जाता.

**कोंकणी म्हण : 1) गणपतीची माती काडून गणपतीक लावप** : गणपतीची मूर्त तयार करतांना, मुर्तीकार गणपतीच्याच एका आंगाची थोडी थोडी माती काडून दुसरे कडेन लायता. हाचे वयल्यान जेन्ना कोणय काटकसर करता, म्हणजे थंयचें काडून थंयच दिता तेन्ना ही म्हण वापरता.

**2) उंदराक मारल्यार गणपतीक राग येता.** (पळयात उंदीर)

**- सं. मं.**

**पुरक नोंद : चवथ**

**गणपती पुळे :** एक तीर्थस्थळ. मुंबयच्यान सुमार 350 कि.मी. अंतराचेर रत्नागिरी जिल्ल्यांतल्या रत्नागिरी शाराच्या उत्तरेक सुमारे 48 कि.मी. अंतराचेर आशिल्लें स्वयंभू गणपतीचें क्षेत्र. हें अरबी दयदिगेच्या दोंगराच्या मुळसणाक, पुळे ह्या ल्हानशा गांवांत आसा. हें स्थळ जागृत आशिल्ल्यान केल्ले आंगवणीक पावपी असो हो देव अशी ताची ख्याती आसा. हे मुर्तीविशी एक आख्यायिका आसा ती अशी :

इ. स. च्या 16 व्या शेंकड्यांत ह्या गांवचोच भट श्री. बाळभट भिडे हाका स्वप्नदृश्टात जालो की, श्री गणेश लागींच आशिल्ल्या केतकी रानांत आसा. भटाची एक गाय सदांच थंय आशिल्ल्या दोंगराच्या एका फातरार स्वताच्या दुदाचो अभिशेक करताना राखण्यान पळयल्लें. उपरांत ताणें ती सुवात निवळ केली आनी तेन्नासावन श्री गणपतीची मुर्तीची पुजा करपाक सुरवात केली. अशे तरेन काळांतरान तो सगळो दोंगरूच गणपती म्हणून पुजपाक



गणपती पुळे : स्वयंभू गणपतीचें क्षेत्र

लागले. आनी अशे तरेन गणपतीचे भक्त ह्या दोंगराभोंवतणी प्रदक्षणां काडपाक लागले.

इ. स. च्या 17 व्या शेंकड्यांत छत्रपती शिवाजी महाराजाचो एक प्रधान अण्णाजी दत्तो सचिव हांणी थंयच एक गणपती खातीर फातराची गर्भकूड बांदली. ह्या फातराचेर कुंकूम, गंध, फुलांची सोंड करून देवाची पुजा करतात. हे गर्भकुडिची लांबाय आनी रूंदाय सुमार 2 मिटरांची आसून तिची उंचाय मात्शी चड आसा. पूर्व दिकेच्या वण्टीक फातराच्या मुर्ती खातीर कमान-दार सोबण केलां. हांगा आशिल्ले गर्भकुडी मुखार पूर्व-पश्चिम दिकेक 6.5 मीटर लांब आनी 3 मी. रूंद सभामाटोव आसा. ह्या सभामाटवाच्या दोनूय वटेनीं रूंद सोपेय आसात. हो सभा माटोव पेशव्यांचे सरदार गोविंदराव बुंदेले हांणें बांदला. ताणेंच ह्या दोंगरा भोंवतणी 1 कि. मी. लांबायेची प्रदक्षणां काडपा खातीर, फातराची वाट बांदल्या.

हांगा भाद्रपद आनी माघ-शुद्ध चतुर्थीचे उत्सव व्हड दबाज्यान मनयतात. रत्नागिरी वचपी भोंवडेकार गणपती पुळेची एक भेट घेतातूच.

-सं. मं

**गणपती स्कूल - मंगळूर :** मंगळूर (कर्नाटक) हांगची एक नावाजत शिक्षण संस्था. हिची थापणूक 1870त जाली. हांगाच्या श्री गणपती देवळाचेर वाटेर आशिल्ल्या श्री उमामहेश्व देवळाचे पडवेर हिचे पयले वर्ग सुरू जाले. सुरवेक ह संस्कृत भाशेची शाळा आसली. कालांतरान, तेन्नाच्या मद्रास सरकाराच्या प्रशासनाखाला आसल्या शिक्षण खात्याच्या अभ्यासक्रमाखाला येतकच ताचें मॉडेल स्कूल अशें नामांतर जालें. हे संस्थेची सुरवेची घड बसोवपाक कागल देवपय्य, दिवान बहादूर नायंपल्लि शिवराव, कबड रामराव, कळ्ळे मंजुनाथय्य, सुजि

ुनाथय्य, कल्याणपूर राघवेंद्रराव, बैंदुर मंगेशराव, ल्लाल रघुनाथय्य आनी मंजेश्वर रामप्पय्य ह्या निस्तांचो व्हड हातभार लागलो.

1879 हे संस्थेंत हेड मास्तर म्हणून श्रीत्रासी मेश्वरय्या आनी ताचो भाव श्रीत्रासी खुब्बराव हाणी हे ळेचो कारभार बरे तरेन चलयलो. उपरांत गवर्नमेंट ॉलेजाचे प्रिन्सीपॉल श्री हेजल ए हार्त आनी गुलवाडी कटराव हाणी प्रयत्न करून 27.09.1908 दिसा रस्वत एज्यूकेशन सोसायटीची थापणूक करून हे क्षण संस्थेक एक घट बुनयाद घालून दिली.

29.12.1930 ते 1.1.1931 ह्या काळांत नयल्ल्या डायमंड ज्युबिली वर्सांत हे संस्थेच्या आदल्या द्यार्थ्यांनी 'ऑल्ड बॉयज असोसिएशन' ची थापणूक ली. फुडें विद्यार्थी आनी शिक्षकां खातीर दनपारच्या वणा खातीर एक आसरो बांदलो.

1946 त सारस्वत एज्युकेशन सोसायटीन, सोमेश्वर ावांत आनंदाश्रम हायस्कूल सुरू केलें. हांगचे ानंदाश्रम कॉपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटीन गणपती ायस्कुलची शाखा उक्ती करचे खातीर स एकर जागा ोसायटीक दान केली. हे सुवातेर सारस्वत एज्युकेशन ोसायटीन स वर्गांची इमारत बांदून हे शाखेक शिराली चत्रापूर मठाचे स्वामी श्री आनंदाश्रम हाचें नांव दिलें. ुडाराक हे संस्थेन एक ज्युनियर कॉलेजय सुरू केले.

सारस्वत एज्युकेशन सोसायटी- मंगळूरच्या आसऱ्या ाला सध्याक 1) गणपती प्रायमरी स्कूल, मंगळूर, 2) णपती हायस्कूल, मंगळूर, 3) गणपती इंग्लीश मिडियम कूल, मंगळूर, 4) गणपती के जी स्कूल, मंगळूर, 5) आनंदाश्रम हायस्कूल, कोटेकार, 6) गणपती प्रयुनीव्हर्सिटी कॉलेज, मंगळूर ह्यो शिक्षण संस्था लतात.

**-डॉ. वासप्प गौड**

**गणपती संस्थान, खांडोळें :** गोंयचें देवस्थान. मूळ नावेली (दिवाडी) सांवन सुमार इ. स. 1540 वर्सा हें दैवत खांडेपारा स्थलांतर जाल्लें. थंयच्यान तें नार्व्या स्थलांतर जालें. सुमार इ. स. 1749 वर्सा श्री गणपती दैवत नार्व्या सांवन स्थलांतर जावन अंत्रूज म्हालांतल्या खांडोळें गांवांत एका दोंगराचे कुशीक सुरक्षीत जाग्यार श्री गणपतीच्या देवळाची थापणूक जाली. आयज तें देवूळ खांडोळें गांवांत आसा आनी त्या वाठाराक 'श्री गणपतीवाडो' अशें म्हणटात.

मुळच्या नावेलिच्या दैवताचें स्थलांतर खांडेपारा आनी उपरांत ते खांडेपारा सांवन नार्व्या स्थलांतर जालें, हाच्या फाटल्यान एक हकीकत आसा. श्रीगणपती दैवताचे संस्थापक, उपासक, भाविकामदीं तिसवाडी तालुक्यांतल्या ताळगांवातले, 'शेणवी नावेलकर' उपनांवाचे भावीक आशिल्ले. ते मोट्या संख्येन आशिल्ले. आपलें कुळदैवत श्रीगणपती नावेली हांगा आसतना ते दर्शनाक वचून भक्तिभावान नेमान सेवा करताले. परिस्थितीप्रमाण बाटाबाटिच्या भंयान तें दैवत नावेली हांगच्यान हालोवन, खांडेपार हांगा व्हरपाचें पडटलें ही जाणीव तांकां आशिल्ली. पूण देवदर्शन घेवपांत ताळगांव ते खांडेपार हें अंतर आडखळ हाडटालें. कोणाक सुलूस दाखयनासतना तें खांडेपारच्यान उखलून ताळगांवांत हाडून ताची थापणूक करची अशें थारावन ते दिवाळेच्या आदले दिसा, म्हणजे नरकचुतर्दशी दिसा,



खांडेपार हांगा गेले आनी थंयच्यान गणपतीची मुर्त कपड्यांत गुठलावन तिका व्हेली.

दिवाळे दिसा खांडेपारच्या लोकांनी फांतोडेर पणट्यो पेटयल्यो आनी न्हावन धुवन देवाच्या दर्शनाक गेले, तर थंय देवळाच्या गर्भकुडीचीं दारां उक्तीं आसून, थंय मुर्त नाशिल्ली. खांडेपारचे लोक ती मुर्ती सोदपाक सगळे कडेन धांवत सुटले. उपरांत तांकां कळून आयलें की ती मुर्ती ताळगांवच्या भावीकांनी उबारून व्हेल्या. देवाची सेवा करपाक खांडेपारा येवप तांकां कठीण जाल्ल्यान तांका हो निर्णय घेवंचो पडलो हें खांडेपारच्या भाविकांक समजलें.

दोनय कडच्या भाविकांनी आपणा भितर समेट करून अशें थारायलें की, हें दैवत अशा गांवांत स्थापन करचें, तो गांव दोनय पक्षांक लागीं आसतलो. उपरांत दोनय पक्षांचें मत घेवन निमाणें ती मुर्त मालार गांवांत म्हणजेच आताच्या नार्वेगांवांत 1560 वर्सा थापणूक केली. उपरांत तिचे सध्याक जंय देवूळ आसा थंय फोंडें म्हालांतल्या खांडोळे गांवांत थापणूक केली. मुखेल दैवत श्रीगणपती देवाची काळ्या पाशाणाची मुर्त आसा. तिका चार हात, आसून ती आसनस्थ बशिल्ली आसा. 31 जानेवारी1969 ह्या दिसा श्रीगौडपादाचार्य संस्थान कैवल्यपूर मठाधीश श्रीमत सच्चिदानंद सरस्वती स्वामी महाराजाच्या हस्तुकीं हे नवे मुर्तीची प्रतिष्ठापना जाली. हेच गर्भकुडींत मुख्यासनाचेर उजवे वटेन पूण वेगळ्या आसनाचेर मूळ आदली गणपतीची मुर्त बसयल्ली आसा.

हे गर्भकुडींतल्या फाटले वणटीक उजवे वटेनच्या एका कोनशाक ल्हानशें कूरकूट आसा. तातूंत एका पितुळच्या धातुपसून एक प्रतिमा कोरायिल्ली आसा आनी ती ग्रामपुरूष, श्री पूर्वाचारी हाची आसा.

मुख्यासनस्थ श्रीगणपतीच्या मुर्तीच्या सकयल्या सुवातेर, श्रीगणपतीची पंचधातूची एक सुंदर प्राचीन मुर्ती आसा. आनी हेच मुर्तेक कौल - प्रसाद लायतात.

मुखेल दैवत श्रीगणपती वांगडा श्रीरवळनाथ, श्रीमहालक्ष्मी, श्रीलक्ष्मीनारायण, श्रीसुर्यनारायण, श्रीशांतादुर्गा, महामाया (कलश रूपी) हीं वांगडी दैव ह्या देवस्थानांत आसात. तांचे वांगडा शेणवी खांडेपारक घराण्याचो कुळपुरूश विठू वा विठ्ठल शेणवी आ रामचंद्र शेणवी खांडेपारकर अशा दोन कुळपुरूशांच्य पाशाणी प्रतिमा आसात.

श्रीगणपती देवाचे दावे आनी उजवे वटेन जोडिल श्रीशांतादुर्गा-महामाया देवूळ पळोवंक सुंदर दिसत ताची बांदावळ लेगीत सुंदर पद्दतीन केल्या. तशेंच हां एक व्हडलो मंडप उबारला.

कोंकणांतल्या हेर देवळांप्रमाण ह्या देवळांत प्रसाद कौल घेतात. सध्याच्या खांडोळें हांगा श्रीगणप देवस्थानांत ही परंपरा राखून दवरल्या आनी प्रसाद कौल खातीर भावीक हांगा येतात.

पुराय वर्सभर हो प्रसाद कौल दिनात. तो दिवपा कांय थारावीक दीस आसतात. प्रत्येक म्हयन्याच्या शुक्ल चतुर्थी विनायकी दिसा, शुक्ल आनी वद्य एकादस, उमा आश्विन शुक्ल ते दसम (नवरात्री - दसरो) आश्विन व 14, नरकचतुर्दस, माघ शुक्ल चतुर्थीपसून माग शुक्ल त्रयोदस मेरेन उत्सवांत, सूर्य आनी चंद्र गिराणा दिस प्रसाद कौल जायना. ते भायर ह्या देवस्थानांत सार्वजनीक विधी, जशें हवनासारकें धार्मीक कार्य चालू आसलें त त्या दिसांनी प्रसाद-कौल जायनात.

ह्या देवळाचे संस्थापक कुळावी म्हाजन, गौ सारस्वत ब्राह्मण सात गोत्रांचे आसात. ते भारद्वाज काश्यप, कौशिक, जमदग्नी, गौत्तम, वसिष्ठ आनी अत्र गोत्रांचे आसून स्मार्त, वैष्णव ह्या दोनूय सांप्रदायां आसात. भारद्वाज गोत्राचे शेणवी खांडेपारकार आ शेणवी वेलिंगकार हे स्मार्त सांप्रदायाचे आसून हेर सगळ माध्व आनी वैष्णव सांप्रदायाचे आसात. कौशिक गोत्रा कामत आनी प्रभू, जमदग्नी गोत्राचे शेणवी, भारद्वा गोत्राचे प्रभू, पै, शेणवी खांडेपारकार, शेणवी वलिंगकार गौतम गोत्राचे महाले, अत्री गोत्राचे कुडव, नावेलकार वसिष्ठ गोत्राचे प्रभू आनी काश्यप गोत्राचे कामत शेण अशीं गोत्रवार उपनामां आसात.

ह्या देवस्थानांत दर म्हयन्याचे चतुर्थीक, संकश्टीक, ।नायकीक उत्सव जाता.

**-सं. मं.**

**गणहोम :** सगळीं विघ्नां पयस करपाक आनी भुरग्यांचो अभ्यास जावपाक
णपती प्रित्यर्थ जो होम घालता ताका गणेश होम वा णहोम अशें म्हणटात. हो होम भारतभर प्रचलित आसा. ।म करपाक आठ हवनांची द्रव्यां, तूप आनी म्होंव हांच्या नश्रणांत कालोवन ताचे ल्हान भाग करतात आनी गणेश ायत्री म्हणून ताचें हवन करतात. अशे वसिष्ठी संहिता ातूंत सांगलां. अष्टद्रव्यांच्या उदकांत गणपतीच्या मुर्तेर त्रान अभिशेक करता आनी निमणे गणपतीची प्रार्थना करता.

**-सं. मं.**

**गणेश : पळयात → गणपती**

**गणेश पुजा :** खंयच्याय व्रताची, पुजेची सुरवात करचे पयलीं श्रीगणेशाचे पुजेन
ुरवात करची अशी धार्मीक परंपरा आसा. गणेश म्हणजे ाणपती हो सुखकर्ता तसो विघ्नहर्ता आशिल्ल्यान, करूंक ्रतिल्ल्या व्रता-पुजेच्या कार्यांत विघ्न येवचें न्ही म्हूण ुरवेक गणेश पुजा करून ताचो आशिर्वाद घेवप जाता. भारतीय संस्कृतींत श्रीफळ म्हणजे नाल्लाक गणेशाचें प्रतीक मानलां आशिल्ल्यान गणेशपुजेक नाल्ल पुजेक लायतात. एका पडग्यांत पडभर सुरय तांदळाचे राशीर नाल्ल दवरून ताका गंध-फुल करता. विडो अर्पण करता. एकारत, उजवाती दाखोवन गणपतीचें नामस्मरण करून गणेश पुजेची सांगता करता. व्रत वा पुजेच्या देवस्पणांत, गणेशपुजेचो नाल्ल तें व्रत वा पुजा सोपसर पुजेचे सुवातेर दवरतात.

**कोंकणी म्हण : गणेशपुजेक कुसको नाल्ल :** खंयचीय पुजा सुरू करचे पयलीं, गणेशपुजेचो नाल्ल पुजेक लायता तो नाल्ल कुसको आसत तर पुजेचे सुरवातीकच चूक जाली अशें समजता. तशेंच कसल्याय कार्याची आरंभाकच कितेंय चुकलें, इबाडलें वा फसलें तर ही म्हण वापरता.

**- सं.**

**गंधपुजा :** गंध लावन केल्ली देवाची पुजा. देवत्त्व आशिल्ले देवाचे मुर्तिची पुजा
करतात. पुजा करतांना देवाची मुर्त वेगवेगळ्या सोबीत आनी सुगंधीत घटकांनी सजयतात. ते खातीर मुखेलपणान फुलां आनी गंध हांचो वापर जाता. मुर्तिचें आंग उदकांत धुवन आनी उपरांत पुसून शास्त्रोक्त पद्दतीन तिच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर गंधाच्यो वेगवेगळ्या आकाराच्यो नक्षीदार आकृत्यो काडटात. जायते फावट ह्या गंधांत रंग भरसून गंधपुजेक रंगयाळें रूप दितात. देवाचे पाशाणी मुर्तिचेर हे रंगयाळे कलाकृतीन देवाच्या अवयवांचें आनी शिरंगराचें पितरावप जाता. कांय कडेन एकेच मुर्तीक वेगवेगळ्या सुवाळ्यांनी वेगवेगळीं रूपां दिवप जाता.

गंधपुजा ही विधीयुक्त पुजा जाल्ल्यान ती धार्मीक रिती रिवाजांनी करतात. तेभायर ती एक कलाकृती जाल्ल्यान गंधपुजेवेळार मुर्तीक सजोवपाक खाशेलो कलाकार येता.

गंधपुजे खातीर लागपी गंध हें चंदनाचें लाकूड साणीर झरोवन तयार करतात. चंदनाचें लाकूड उपलब्ध नासता तेन्ना वोंवळिचें लाकूड वापरप जाता.

**- सं.**

**गर्भाधान :** गर्भाधान म्हळ्यार गर्भाचें आधान म्हळ्यार 'दवरप' (आ + धि़ = दवरप, प्रतिष्ठापना करप), गर्भाची स्त्री - शरिरांत संस्कारपुर्वक थापणूक करप. 'धाता गर्भदधातु ते' ह्या मंत्रावेल्यान हें नांव आयिल्लें आसा.

मनशाचे उदरगतीचे पयले अवस्थेंत शरीरसंबंध, गर्भसंभव आनी अपत्यप्राप्ती हे सैमीक विधी आशिल्ले. तांकां उपरांत प्रगत अवस्थेंत संस्काररूप मेळ्ळें. गर्भाधान हो हिंदुच्या सोळा संस्कारां मदलो पयलो संस्कार आसून तो भुरग्याच्या जल्मा पयलीं करपाचो आसता.

संहिताग्रंथांत गर्भाधानाचो प्रत्यक्ष उल्लेख ना. पूण गर्भधारणा, गर्भाच्यो देवता, हांचे विशीं (ऋग्वेद 10.124 अर्थ 5.25) उल्लेख आसात. उपनिषदांत पुत्रमय विधीचो उल्लेख येता. बृहदारण्यक उपनिषदांत अथर्ववेदीय मंत्र दिवन ऋतूप्राप्तीच्या चवथ्या दिसा करपाचो विधी सांगला. तातूंत साळी काडून शीत करचें आनी तूप घालून आहुती दिवची अशें म्हळां. शांख्यायन गृह्यसुत्रांत 'चतुर्थीक्रम' लग्नाचे चवथे राती करचें आनी 'अध्यंडा' वनस्पतीचो रोस घोवान बायलेचे उजवे नाकपुडयेंत पिळचो अशें म्हळां. वैखानस सुत्रांत हे विधीक ऋतूसंगमत अशें म्हळां. उपरांत लग्नाची पिराय सकयल आयली आनी 'चतुर्थीकर्म' रद्द जावन त्या जाग्यार ऋतूप्राप्ती उपरांत चवथ्या दिसा करपाचो 'गर्भधान विधी' प्रचारांत आयलो.

सद्या प्रचलीत आशिल्ल्या गर्भाधानाचें विधान सुत्रग्रंथांत केल्लें आसा. भश्टी न्हाल्ल्या दिसासावन हो संस्कार नवे लग्न जाल्ले बायलोविशीं करपाचो आसता. ह्या संस्कारा फाटल्यान दोन हेत आसतात. 1) स्त्रीक्षेत्राचें (योनी, गर्भाशय आदी) शुद्धीकरण आनी 2) बरे प्रजेचे जनन. स्मृतिकारांनी ह्या संस्कारांची तिथी, नक्षत्रां आनी तांचें फळ हांचें विवेचन केल्लें आसा. बौधायन सुत्रांत बायल वायट नक्षत्रार भश्टी जाल्यार भुवनेश्वरी शांती करची अशें सांगलां. ह्या सुत्रांत ते संबंधीचो विधी आसा.

गर्भाधानांत सुरवेक घोव पुण्याहवाचन आनी नांदीश्राद्ध करता. उपरांत गृह्याग्नीत विष्णूक स आनी प्रजापतीक एक अशो सात आहुती दितात. ह्यो आहुती चरूच्यो म्हळ्यार शिताच्यो आसतात. मागीर 'उदीर्ष्वातः पतिवती....' (ऋ 10.85.21) हो मंत्र म्हणून बायलेचे उजवे नाकपुडयेंत अश्वगंधेचो वा दुर्वेचो रोस पिळटात. बायलेक उदेंते कडेन तोंड करून बसयता आनी घो फाटल्यान उबो रावन वयले तरेन रोस पिळटा. उपर बायलेच्या हातान ब्राह्मणाक पांच फळांचें दान करत रातचें समागमाचे वेळार,बायलेच्या जननेंद्रियाक स्प करून घोव फुडें दिल्लो मंत्र म्हणटा :

**विष्णुर्योनि कल्पयतु त्वष्टा रूपाणि पिंशतु।**
**आञ्चतु प्रजापतिर्धाता गर्भ दधातु ते॥**
**गर्भ धेहि सिनीवालि गर्भ धेहि सरस्वति।**
**गर्भ ते अश्विनौ देवावाधत्तां पुष्करस्त्रजा॥**
**हिरण्ययी अरणी यं निर्मन्थतो अश्विन।**
**तं ते गर्भ हवामहे दशमे मासि सूतेव॥**
**(ऋग्वेद :10.184.1-3)**

समागमा उपरांत दादल्यान न्हांवचें अशें सांगल बायलेक न्हाणाची गरज ना.

लौकिक विधी : गर्भाधानांचे राती कडेन घो बायलेक एककडेन बसोवन बायले कडल्यान घोवा पुजा करून घेतात. बायलेची सवाशिणीवरवीं हो भरतात. रातची शेज सजोवन दिवली पेटयतात. शे म्हऱ्यांत मिठायेचें ताट आनी सुपारेचो करंड दवरा दुसऱ्या दिसा घोव -बायलेक एकठांय बसोवन आर करतात. सकाळची शेज काडपी बायलेक पैशे मेळटात.

गोंयांत हो विधी 'फळसोबन' ह्या नांवांन करतात.

आधुनीक काळांत ह्या संस्काराच्यो खास धार्मी विधी उण्यो जावन, शास्त्रापुरतो संस्कारविधी करप जाता

- **सं. म**

**गरी : पळयात → गरोवणी**

**गरूडासन** : गरूडाच्या आकाराचें आस देवळांतल्या देवाची देवळा भाय मिरवणूक काडटांना देवाक वेगवेगळ्या आसनांचे



गरूडासनार बशिल्लो गणपती

बसोवन ही मिरवणूक काडटात. गरूडासन, मयुरासन (मोरासन), अंबारी (हतयासन),पालखी, लालखी, रथ, तेर, सांगोड हीं तातुंतलीं कायं आसनां. हीं आसना लाकडां पासून तयार करून तांचेर चांदी सारक्या चकचकीत धातूंचें आवरण बसयता. लाकडी तशें धातु काम भारतीय कलाकुसरीचें नक्षीदार काम आसता. हातुंतल्या कांय वाहनांक चक्रां बसोवन ती जमनी वयल्यान ओडून व्हरतात. तांचेर देवाक बसपाची बसका आसता. आसनाच्या नावाप्रमाण ताका तसो आकार दितात. देखीक गरूडासनाक गरूड पक्षाचो, मयुरासनाक मोराचो, अंबारीक हतयाचो आकार दितात.

गरूड पक्षी हें विष्णू देवाचें वाहन आसलें अशें पुराणकथा सांगता. तशेंच हेर आसना फाटल्यान अश्योच पुराणकथा आसात.

**पुरक नोंदी : 1) अंबारी, 2) तेर, 3) मयुरासन, 4) पालखी, 5) रथ, 6) सांगोड**

**गरोवणी :** नुस्तें धरपाची एक कला. न्हंयतलें वा दर्यांतलें नुस्तें धरपा खातीर लोक गरोवणी करतात. ही गरोवणी दोन तरेची आसता. एक शितारेची (बडयेची) आनी दुसरी लांबारेची. शितारेचे गरोवणे खातीर पांच वा स फूट लांब कोंड्याची बडी घेता आनी ताच्या बारीक तोंकाक शितारेचे लांबये येदो तांसाचो दोरो बांदता. ह्या तांसाच्या दोऱ्याच्या  दुसऱ्या तोंकांक हुकाच्या आकाराचो गरो बांदता. गऱ्यावयर तिनेक इंचाचेर तांसाक शिश्याचो कुडको बांदता. हो कुडको तांस आनी गरो उदकांत बुडपाक मदत करता.  ह्या उपकरणाक गरी म्हणटा. कांय कडेन ताका शितारी म्हणटात. ह्या गऱ्याक सुंगट, तिसरी हांचे मास तोंपून तो गरो उदकांत सोडटात. मासाच्या कुडक्याक हांयस म्हणटा. उदकांत सोडिल्ल्या हांयसाच्या आशेन नुस्तें हांयसा सयत गऱ्याक घास मारता आनी गरो ओडटा. वयर धडेर हातांत शितारी घेवन राविल्ल्या गरोवप्याक गऱ्यांचे हांयस नुस्तें खाता म्हणपाचो संदेश तांसाच्या दोऱ्याच्या थरथरावेल्यान जाणवता. ते सरशी तो हातांतले बडयेक झटको मारून नुस्त्याच्या तोंडाक गरो फारायता. नुस्तें फारावतकच तो उदकांत सोडिल्लो दोरो नुस्त्या सयत वयर काडटा. केन्ना केन्ना गरोवप्याचो गरो फारावपाचो अदमास चुकता आनी हांयस खावून नुस्तें पळटा.

पारंपारीक लाकडी शितारेचे गरोवणे जाग्यार आता आधुनीक पद्दतिची, स्वयंचलीत अशी धातुची शितारी वापरांत आयल्या. हिचो उगम पाश्च्यात्य देशांतल्यान जालो. हे शितारेक मुठी कडेन चक्र बसयल्लें आसता.



आनी शितारेचे तांसीचो दोरो उदकांत सोडपाक तशेंच उदकांतल्यान वयर काडपाक पारंपारीक झटको पद्दत वापरीना. दोरो सोडपाक आनी वयर काडपाक मुठी कडेन बसयल्लें चक्र उलटें-सुलटें धुंवडावन दोरो भायर (सोडटा) भितर (कवळटा) काडटा. गरोवणेची बाकिची प्रक्रिया वयर सांगिल्ले पारंपारीक शितारे सारकी आसता.

लांबारेची गरोवणी हो गरोवणेतलो आनीक एक प्रकार. हातूंत शितारी (लाकडी, धातू) आसना. तांसाचो दोरो 25 मिटर ते 200 मिटर पर्यंत आसता. दोऱ्याच्या एका तोंकाक गरो बांदता. गऱ्याच्या बांदावळी पसून सुमार 6 इंच उंचायेचेर शिंश्या धातुचो कुडको बांदतात. तांसासो दोरो खूबच लांब आशिल्ल्यान तो गुठलावपाक शितारेचो वापर करिना. ते खातीर नाल्ल्याचें सोण्ण वा सुमार 6 इंच लांबायेची आनी 4 इंच रूंदायेची लाकडाची फळी, लाकूड वा प्लास्टीक चक्र अश्या वस्तूचो वापर करतात. गऱ्याक हांयस लावून नुस्त्याक आकर्शीत करपाची आनी उपरांत ताका फारावपाची पद्दत शितारेचे गरोवणें सारकीच आसता. लांबारेचो उपेग खोल न्हंयो आनी दर्यातले गरोवणे खातीर करतात.

वयर दिल्ल्या गरोवणेच्या दोन प्रकारा भायर दावण हो तिसरो प्रकार आसा. ह्या प्रकारांत एक लांब दोरयेक थारावीक अंतराचेर तांसाच्या दोऱ्याक गरे बांदतात. गऱ्यांक हांयसा लावून मागीर ती दोरी न्हंयत वा दर्यांत, उदकांच्या झोता आड तिचीं दोनी तोंका अशे तरेन ओडून बांदतात की दोरी ही उदकाचे थारावीक पातळे पोंदा वयणी कशी जावन रावता आनी ताका बांदिल्ले गरे नुस्त्या खातीर दोरयेक लांबता. नुस्त्याक गरे फारोवपाची क्रिया दोरयेच्या आदारान आनी उदकाच्या झोतान आपशींच जाता. कांय काळाच्या अंतरान दोरी वयर काडून गऱ्याक फारावल्ले नुस्ते काडून रिते पडिल्ल्या गऱ्याक हांयसा लावन परत दोरी उदकांत सोडटात. हांगा एकाच वांगडा एका परस चड गऱ्याक नुस्ते फारावपाची क्रिया घडटा.

गरोवणी हो वेवसाय म्हणून करपी लोक आसतात तेच प्रमाण छंद (टायम पास) म्हणून करपीय छंदी आसात.

गोंयांत एक सामाजीक संस्था (क्लब) दर वर्सा गरोवणेची सर्त आयोजीत करता. हे सर्तींत जायते गरोवपी वांटो घेतात. थारावीक काळा भितर गरोवणेक फारावल्ल्या नुस्त्याच्या वजनाप्रमाण सर्तीचो निकाल लावन जैतवंताक इनामां दितात.

**कोंकणी म्हण : हांयस लावन पालू (एक नुस्तें) खांवचो.** हांयस हो ल्हान पदार्थ आसता. तें वापरून पालूसारकें व्हड नुस्तें खावपाक मेळटा. जेन्ना व्हड कितेंय मेळोवपाचें आसता तेन्ना थोडे तरी पदरचें खर्चुपाक जाय, हो संदेश हे म्हणींतल्यान मेळटा.

**-सं.**

**गवर : पळयात → गौरी**

**गवळण (गौळण) (गीत प्रकार)** : मराठी संत साहित्यांतलो एक गीत प्रकार : ाठी संतांनी गोकुळांतल्यो गोपी (गवळणी), गोप ावळी) तांचें सर्वस्व असो आशिल्लो कृष्ण, कृणाची ाडकी गवळण राधा. कृष्णाची पोसकी आवय यशोदा, ाकुळ आनी वृंदावनाचो प्रदेश ह्या सगळ्या घटकांचेर ादारीत असो हो गीत प्रकार रचला. यशोदेचें वात्सल्य, ाधेचो अनुराग, गवळणींचें आंतरीक प्रेम, गवळ्यांची ाष्ण निश्ठा, बाल कृष्णाच्यो अपार लिला (मस्कऱ्यो) ानी कृष्णान गोप-गोपी वांगडा खेळिल्ली रास क्रिडा नाच) हांचेर तरल, भावूक सुमधूर उतरांनीं ह्यो गवळणी तांनी सजयल्या. ह्या गवळणिंनी, लौकीक अर्थान, ागार रसाचो स्थायीभाव दिसता आसलो, तरी हो शृंगार हणजे संतांनी केल्लो परमार्थान भरिल्लो भक्तीरसच ासा. संत ज्ञानेश्वर, नामदेव, तुकाराम, एकनाथ, नळोबा अशा जायत्या संतांनी ह्या लोकप्रिय गीतरचनेची गोडलायणी अशी निर्मिती केल्या.

संत एकनाथ हाचे एके गवळणींत (गीतांत) एके वळणीची (गोपीची) कृष्णप्रेमाची (भक्तीची) अवस्था ाखयल्या ती अशी :

**नंदनंदन मुरलीवाला,**
**याच्या मुरलीचा वेध लागला ॥**
**प्रपंच धंदा नाठवे काही,**
**मुरलीचा नाद भरला हृदयी ॥**
**पतिसुताचा विसर पडला,**
**याच्या मुरलीचा छंद लागला ॥**
**स्थावर जंगम विसरूनि गेले,**
**भेदभाव हरपला ॥**
**समाधी उन्मनी तुच्छ वाटती,**
**मुरली नाद ऐकता मना विश्रांती ॥**
**एका जनार्दनी मुरलीचा नाद,**
**ऐकती होती त्या सद्‌गद ॥**

श्रीकृष्ण हो चडशा गवळणिंचो नायक जावन आसा. कृष्णाचे भुरगेपणांतले खेळ, ताच्या मस्तेपणाक लागून पिडिल्ल्यो गवळणी, ताणीं यशोदे कडेन हाडिल्ल्यो कागाळी, त्या कागाळींतल्यान ताणीं केल्ली कृष्णाची तोखणाय, गवळणींक भुलोवपी कृष्णाची मुरली, कृष्ण दिसना म्हूण गवळणींक जाल्लो विरह ह्या विंगडविंगड भावांचें दर्शन ह्या गितांनी घडटा. हाचे वेल्यान ह्या काव्याक 'गवळण' वा 'गौळण' हें नांव पडलें.

बालक्रिडा (कृष्णाची), गाराणीं, कालो, मुरली, विराणी अशा पोटभागांनी गौळण विभागल्या. संत ज्ञानेश्वरापसून संत तुकारामा मेरेन जायत्या संत कवींनी गौळणी बरयल्यो. ज्ञानेश्वराची 'विराणी' गौळणींत येता. मराठी संत कवींनी गोपी-कृष्णाचो शिरंगार भक्तीरसान केळयलो आनीं फुलयलो. हो भक्तीरस तांणी गौळणी खातीर पर्याय मानलो. देखीक : संत ज्ञानेश्वर म्हणटा :

**पाहें पा वाल भाचेनी व्याजे।**
**तिया व्रजांगनांचीं निजे।**
**मज मीनलिया काय माझे।**
**स्वरूप नव्हती?।**

अर्थ : नंदालो श्रीकृष्ण हो मदनापरस सुंदर आसलो. गोकुळांतल्यो गोपी ताच्या सोबीत, सुंदर रूपाक भुल्ल्यो आनी तांणी आपलो जीव ताचेर उवांळून उडयलो. अभिलाषा आनी आसक्ती बाळगून त्यो श्रीकृष्णा म्हऱ्यांत आयल्यो, हें जरी खरें आसलें तरी श्रीकृष्णान आपल्या दर्शनान, स्पर्शान, उलोवण्यावरवीं आनी रास रस ह्या गोड साधनां वरवीं तांचे विकार जळोवन उडयले आनी तांकां निश्काम केलीं.

नामदेवाची ह्या विशया वेली पद्य रचना सगळ्यां परस प्रसादपूर्ण आसा. तुकारामाच्यो गौळणी ठसकेबाज आनी नखरेल दिसतात. एकनाथाच्यो गौळणी पळोवपाक जरी लौकिक आनी कामप्रेरित आसल्यो, तरी अंतरंगांत परमार्थान भरिल्ल्यो दिसतात. निळोबाच्या गौळणींक तर मराठी भाशेंतलीं उपनिषदांच मानतात.

संत एकनाथ महाराजाली एक गौळण अशी आसा :

**गौळणी सांगति गाऱ्हाणी,**
**रात्री आला चक्रपाणी।**

**खाऊनि दही दूध लोणी,**
**फोडिल्लीं अवघीं विरजणीं।**
**हा गे बाई कोणासि आवरेना ॥धृ॥**
**यशोदे बाळ तुझा तान्हा,**
**कोठवरी सोसूं मी धिंगाणा ॥1॥**
**दुसरी आली धावत,**
**याने बाई काय केली मात।**
**मुखाशी मुख चुंबन देत,**
**गळ्यामधी हात घालीत**
**धरूं जाता सांपडेना ॥2॥**

ही गौळण , 'गाऱ्हाणी' हे गौळणीच्या पोटभागांत आसपावता. हातूंत कृष्ण आनी ताचे वांगडी गवळणीक त्रास दितकच ह्यो गवळणी कृष्ण आपणाक आटापाक येना, म्हूण यशोदे कडेन कशे तरेन कागाळ करतात तें दाखयलां.

संत नामदेवाचे सकयले गवळणींत एके कोंकणी गवळणिचो उल्लेख आयला.

**गोवळणी ठकविल्या। एक एक संगतीने**
**मराठी कानडिया। एक मुसलमानी**
**कोंकणी गुजराती।**
**अशा पांच जणी गौळणी ठकविल्या।**

संत नामदेवाचे गवळणींत त्या काळांतले कोंकणी भाशेंतली एक गवळण मेळटा ती अशी :

**पाव गा दातारा। पाव गा दातारा।**
**तूं नंदलो झिलो। माका फडको दी।**
**मी हिवान मेलो। घे माझो कोयतो।**
**देवा पायां पडलो।**

कोंकणांतल्या भजन ह्या भक्ती प्रकारांत हेर अभंगां मदीं गवळण हो एक अभंग प्रकार म्हणटात. हो अभंग उडटे रागदारिंतलो आसून तातूंत कृष्णाच्या बाललिलांचें आनी कृष्णाबद्दल गवळणींक दिसपी आपुलकेच्या तक्रारीचें वर्णन मुखेलपणान जाता.

महाराष्ट्रांत, ग्रामीण वाठारांत, लोकप्रिय आशिल्ल्या तमाशा ह्या लोकनाट्यांत, गण (गणपतीची प्रार्थना) ह्य प्रकारा उपरांत गवळण हो प्रकार जाता. कृष्ण आनी गोपि हांच्या मदले संवाद अभिनय आनी संगिताच्य माध्यमांतल्यान हो प्रकार सादर करप जाता.

- सं

**गवळण कालो : पळयात → कालो**

**गवळी : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**गवदो :** आदल्या काळांतलें उजवाड - वेवस्थ करपी उपकरण. आदल्या काळांत आतां सारकीं वीज, बॅटरी वा गॅसीचेर चलपी उजवाडा उपकरणां नासलीं. तेन्ना अशी उजवाडा येवजण तेलाच्य आदारान करप जाताली.

गवदो हें उपकरण धातुचें आसतालें. आनी ताचे आकार नळये सारको आसून एका तोंकाक पेल्याचे आनी दुसऱ्या तोंकाक मुठिचो आकार आसतालो. पेल्याच्या आकाराच्या तोंका कडेन तेलान भिजयल्ले कपडो चोंदून भरपाची वेवस्था आसताली. ह्या कपड्याचो पेल्या भायलो भग घट सुतान वा सरयेन रेवाडून घट्ट बांदताले. राती कडेन जेन्ना प्रकाशाची गरज लागताली तेन्ना हो गवदो पेटोवन ताची मूठ हातांत धरून तो उंच धरप जातालें. पेटिल्ल्या गवद्यांतल्या कपड्याचे तेल सोंपता तशें थंय आनीक तेल रकोवपा खातीर तेलाची गिनी (आयदन) सांबाळटाले. एका हातांत गवदो आनी दुसऱ्या हातांत गिनी धरून गवदोधारक उबो रावतालो वा गरज पडटा तेन्ना चलतालो.

ही गवद्याची वेवस्था, देवळाच्या प्राकारांत देवाची पालखी काडटांना, तळयेंत सांगोड नाचयतांना, वा हेर तरेच्या रातच्या धार्मीक उपक्रमांनी जाताली. तेभायर आदल्या काळांत रानांत शिकारेक वतांना वा शेणिल्ली गोरवां सोदतांना गवदे घेवन वताले. महाराष्ट्रांत अंबाबाईचे भक्त पेट्टे गवदे आपल्या आंगार वावडून नाच

...तात.

उजवाडाच्यो आधुनीक सोयी उपलब्ध जाल्ल्यान ...द्यांचो व्हडलोसो वापर जायना आसलो तरी आयज ...ळांत पालखे - सांगोडाच्या वेळार सांस्कृतीक, ...तमात्मक म्हणून मिरवणुकी वांगडा गवदे घेवन ...वपाची परंपरा चलता.

-सं.

**गव्हर्नमेंट कॉलेज : मंगळूर** : मंगळूर शारांतली एक नामनेची शिक्षण ...स्था. हिची स्थापना 20 सप्टेंबर 1866त जाली. तिची ...थापना करपा खातीर मंजेश्वर रामप्प, एस. गुंडूराव, ...ल्लिकाची तिमप्पय्य, सदत्खान, सि. रंगप्प, नारायण पै ...ानी मुत्तुस्वामी अय्यर हांणी त्या काळांत सुमार 65 ...जार रूपया जमोवन ते सरकाराचे स्वाधीन करपाचो ...पक्रम केलो. सरकारा वतीन सुरू जाल्लें म्हणून ताका ...रकारी स्कूल आनी उपरांत सरकारी (गव्हर्नमेंट) कॉलेज ...ांव पडलें.

सुरवेक हांगा 1868 मेरेन मॅट्रीक्यूलेशन मेरेन शिक्षण ...वपाची सोय आसली. फुडलें शिक्षण घेवचे खातीर ...द्रासाक वच्चें पडटालें. 1868 उपरांत मद्रास सरकारान ...ंगा एफ. ए. वर्ग सुरू केलो. 1870 त मंगळुरच्या ...पनकट्टा वाठारांत आपले स्वताचे इमारतीत हे कॉलेजीचें ...थलांतर जालें. तांबड्या फातराचे गोथीक शैलीन ...ांदिल्ली ही इमारत दक्षिण कन्नडांतली एक सोबीत वास्तू ...आसा. 1901 मेरेन हांगा फकत चल्यां विद्यार्थ्यांकच ...वेश आसलो. उपरांत चल्यां - चलयांक दोगांकय प्रवेश ...ळपाक लागलो. 1974 त कॉलेजीक शंबर वर्सां ...जाल्ल्यान ताचें यादस्तीक म्हणून शतमानोत्सव इमारत ...बांदली. हातूंत भौतीकशास्त्र आनी संगणकशास्त्र विभाग आसात. ह्या विभागा खातीर हे कॉलेजीचे माजी विद्यार्थी श्री दयानंद पै आनी श्री रमेश कुमार हांचे कडल्यान व्हड ...दुडवां आदार मेळ्ळा. 1922 त ''कॉलेजी मिसलेनी'' ...प्रसिद्द जालें. ह्या वर्सा विश्वकवी रवीन्द्रनाथ ठाकूर हाणें हे संस्थेक भेट दिली. हे भेटिचें यादस्तीक म्हणून 1924 त 'रवीन्द्र कलाभवन' सभाघराची हांगा निर्मिती जाली.

हे कॉलेजींत शिकून फुडाराक वेगवेगळ्या मळांचेर नामना जोडिल्ल्यां मदीं श्री विरप्प मोयिली (कर्नाटक मुखेलमंत्री आनी केंद्रीय मंत्री), रामनाथ रै (कर्नाटक मंत्री), विजयकुमार शेट्टी (प्रशासक), विनयकुमार सोरके (प्रशासक), जयराम शेट्टी (प्रशासक), मंजेश्वर गोवींद पै (साहित्यीक), पंजे मंगेश राव (साहित्यीक), शिवराम कारंत (साहित्यीक), बेनगल रामराव (साहित्यीक), कार्नाड सदाशीव राव (राजकारणी), श्रीमती कमलादेवी चट्टोपाध्याय (राजकारणी), दयानंद पै (उद्देजक), रमेश कुमार (उद्देजक), फादर समर्थ (समाज सेवक), श्रीमती हिल्डा अ रामप्पन (समाजसेविका), नामनेचे कन्नड साहित्यिक पंजे मंगेश राव, पडुकोण रमानंद राव, वि. ए. इनामदार, बागलोडी देवराय आनी सा. शि. मरूळय्य (प्रिन्सीपल) हांणी हांगा शिक्षक म्हणून काम केलां. श्री. गोविंद कृष्ण चेट्टर हाणे प्रिन्सीपाल (1922-36) आसतांना संस्थेचें नांव व्हड करपांत आपले योगदान दिलां.

-डॉ. गीता शेणै

**गळगळो** : एक घरगुती (गांवठी) वैजकी उपचार. ताळो दुखप, सरांटप, सूजप वा बसप अशा पिडांचेर हो उपचार घरचे घरा करतात.

पेलोभर दुगदुगीत हून उदकांत अर्द कुलेर मीठ खिरायता. गळगळो घेवपी तोंड वरशें करून ह्या हून उदकाचो घोट घेवन ताका ताळ्या कडेन व्हरून, ताळ्यांतल्या ताळ्यांत घोळोवन ताळ्याक हून खारट उदकाचो शेक दितात. घेतिल्ल्या घोटाच्या उदकाची हूनसाण वतकीर तो भायर उडोवन दुसरो हून घोट घेता. अशे घोटार घोट घेवन खारट हून उदका वरवीं एके वटेन ताळो शेकता आनी दुसरे वटेन ताळ्याक लागिल्ले जंतू, द्रव्यां थंयच्यान सुटून उदका वांगडा भायर पडटा आनी ताळ्याक थाकाय मेळटा.

उदकाच्या घोळपांतल्यान ताळ्यांत गळागळा असो आवाज येता जाल्ल्यान ह्या उपचाराक गळगळो हें नांव पडलां आसूं येता.

चड वा मोट्यान उलोवपी शिक्षक, नट, गायक, वक्ते हांचे गळ्यांतले आवाज - यंत्रणेचेर भर पडटा जाल्यान अशा मनशांनी नेमान गळगळो घेवप गरजेचें आसा. गळगळो हो प्राथमीक उपचार जाल्ल्यान गळ्याचे खर पिडे खातीर वैजा कडल्यान उपचार करचो.

सुश्रुत ह्या आयुर्वेदीक वैजाच्या काळा सावन गळगळो हो उपचार चलत आयला. आयजय प्राथमीक उपचार म्हणून वैज गळगळ्याची शिफारस करतात.

**-डॉ. भिकाजी घाणेकार**

**गाझोलीन (वाफोर)** : प्रदेशा अंतर्गत, न्हंय येरादारीचें इंजिनार चलपी वाहन. आदल्या काळांत गोंयच्या मांडवी आनी झुआरी न्हंयत लोकांक आनी सामानाक एका गावांत सावन दुसऱ्या गांवांत हाड-व्हरप मशिनार चलपी व्हड्या सारक्या वाहनांनी (लाँच) जातालें. तांकां गाझोलीन वा वाफोर म्हणटाले. हें वाहन पुर्तुगेज उतर गाझोलीन (gasolina) म्हणजे पेत्रोल ह्या इंधनाचेर चलतालें म्हणून ताका गाझोलीन हें नांव पडलां आसूं येता. ताचें वाफोर हें दुसरें नांवय पुर्तुगेज उतर वापोर (vapor) म्हणजे vapour (वाफ) ह्या उतरा वयल्यान पडलां आसूं येता. सुरवेक अशीं वाहना वाफेचेर चलतालीं आसूं येता.

व्हडा आकाराच्या ह्या लांकडी वाहनांक मुखा वयले सुवातेर लोकांक बसपाक बांक आसताले. फाटल्यान इंजीन रूम आनी ड्रायव्हराची सुवात आसताली. पावस वतापासून संरक्षणा खातीर लोकांच्या माथ्यार लांकूड आनी पत्र्यांचो वापर केल्लें छप्पर आसतालें. तिकेट दिवंक तिकेट मास्तर आसतालो. आदल्या काळांत रस्त्या वयली येरादारी जायत्या प्रमाणांत उपलब्ध नाशिल्ल्यान लोक गोंयांतल्या गोंयांत लांबच्या प्रवासाक गाझोलिनाचो वापर व्हड प्रमाणांत करताले. पणजे - सांवड्डे, पणजे - हळदोणे, पणजे - वळवय, पणजे -मुरगांव अशो तांच्य दिसपट्ट्यो फेरयो आसताल्यो आनी सरकारी न्हंय येरादारी खात्यामार्फत ही प्रवासी सेवा चलताली कामीज्यांवाचे (आदली मिनीबस) तिकेटी परस न्हंय येरादारीची तिकेट उणी आशिल्ल्यान लोक गोझोलिनाचे प्रवास पसंत करताले.

हे येरादारीचे वाटेर लोकांक देंव-चडपाक सोपें जावचे म्हणून गावां गावांनी धक्के बांदिल्ले. रस्त्या वयले येरादारींत सुदारणा जातकच ल्हव ल्हव करून न्हंय येरादारी करपी गोझोलिनां काळा भायरीं जाली. न्हंय येरादारींत सद्याक आलतड-पलतड मारपी फेरी बोटी आनी तारी (बीन मशिनाचीं ल्हान व्हडीं) तितलीं उरल्यां पुलांचो आंकडो जसो जसो वाडत वता तशीं तशीं ही वाहनांय उणीं जायत रावतलीं आनी एक दीस काळा आड वतलीं अशें दिसता.

**-सं.**

**गांठवल** : लग्न जातकच न्हंवरो -व्हंकल कुल दैवताची भेट घेवन तिर्थार वा तळयेर न्हाण घेतात. ताका 'गांठवल' म्हणटात. लग्न विधी करता आसतना न्हंवऱ्या -व्हंकलेन घेतिल्ले पामरेक (शेलो) गांठ मारतात. ताकाय 'गांठवल' अशें म्हणटात. गांठी वल्यान गांठवल हें उतर घडलां आसूं येता.

कर्नाटकांत कोंकणींत गांठवलाक 'होर न्हाण' अशें म्हणटात. व्हींवर म्हळ्यार दांपत्य. व्हींवर ह्या शब्दांतले'व' वचून होर न्हाण जालें. हें व्हींवर कुलदेवा कडेन धुळशेट घेवंक वतात, थंय तांचें गांठवल जाता. तें एकदांच करपाचें आसतां. तें जाले बगर तांकां कसलें देवकृत्य करूंक मेळना. देवाचे तळयेर वा पवित्र तिथार जंय गांठवल करपाचें आसता, थंय गणेशपुजा करून फुडलो विधी करतात.

सुरवेक संकल्प करतात. तातूंत **'कायिक, वाचिक, मानसिक, ज्ञात, अज्ञात सकल पापक्षयार्थ कुल देवता सन्निध, पवित्र जले सपत्नक : अहंस्नानं करिष्ये'** अशें

ळां.

**अर्थ** : देहान, वाचेन, मनान, जाणा जावन वा जाणपणान घडिल्लीं पापां ना जावपा खातीर हांव हे लदेवतेच्या पवित्र तिर्थार म्हज्या घरकान्नी सयत गतां. खंयच्याय पवित्र तिर्थार स्रद्धेन तिर्थस्नान करता ासतना सादारण होच संकल्प आसता.

न्हाण जाल्या उपरांत दादलो सोवळें वस्त्र न्हेसता ानी आंगार उपरणें वा पामरी घेता. बायलमनीस सोवळें ापड न्हेसता, चोळी घालता आनी आंगार एक ल्हानसो लो घेता. आंगांतलीं ओलीं वस्त्रां थंयच दवरपाची ासतात. दादल्याचीं ओलीं वस्त्रां पुरोयताक येणी जाता ानी बायलांचीं ओलीं वस्त्रां भाविणीक मेळटात.

उपरांत ती बायलमनीस सौभाग्यवायण दान करता, ौभाग्य वायण एक रंगीत सुपली घेवन तातूंत नाल्ल, त्रण, कुकमाकरण, हळदिची डबी, कांकणां, 5 पिड्डुको ांदिल्ली अणसा दोरी, हारसो, दातोणी अशो वस्ती वरतात. हाचे वयल्यान आनीक एक सुपली धांपिल्ली ासता.

हें सौभाग्यवायण भायल्या भायर पुरोयताक दितना ायलमनीस संकल्प करता. ह्या संकल्पाचो अर्थ असो ासता : 'म्हज्या ह्या जल्मांत आनी फुडें येवपी दुसऱ्याय ल्मांनी अखंड सौभाग्य सिद्धी, पुत्र, पौत्र, धन-धान्य मृद्धि मेळची म्हूण हांव हें सौभाग्य दान करतां.' दान देवन जातकच भट आशिर्वादाच्यो अक्षता व्हौंवराच्या मस्तकार घालून ताका आशिर्वाद दिर्दी.

तशेंच न्हवऱ्याचें उपरणें आनी बायलेच्या पदराचे ोंक घेवन गांठ मारता. उपरांत सगळ्यांत फुडें वाजंत्री ांचे फाटल्यान वायण, गंधफुलांचें ताट हातांत घेवन भट आनी व्हौंवर देवाच्या दर्शनाक वता. हें जोडपें नाल्ल दवरून देवाची भेट घेता आनी मोडचे पयशे देवा भोंवतणी हुंवाळून उडयता. ह्या पयश्यांक 'हुंवाळकी' अशें म्हणटात आनी ती भावणीक मेळटा. दर्शन घेतल्या उपरांत हें व्हौंवर चौका वयल्या जमखणार बसता तेन्ना भावीण ताच्या फाटल्यान उबी रावन गांठवलाची गांठ सोडटा. हें गांठवल जाल्या उपरांत तांकां धार्मीक विधी करपाची मेकळीक जाता.

कोंकणांत कांय समाजांत कुलदेवतेचे वर्सुकी जात्रेंत जावपी दिवजां-उत्सवांत हो गांठवल विधी करतात. लग्न जाल्या उपरांतचे पयले जात्रेक नव्या दांपत्यान हो गांठवल विधी करपाचो आसता.

ह्या गांठवलाचो आनी दिवजांचो संबंध आशिल्ल्यान हो विधी चडशे कडेन राती कडेन जाता. कारण चडशे कडेन दिवजां उत्सव राती कडेन जाता.

धार्मीक विधी जाले उपरांत पुरोयत दांपत्याच्या खांदा वयल्या वस्त्राक गांठ मारता. उपरांत दादलो हातांत पेट्टं दिवज घेवन, हेर दिवजांकार दांपत्यां वांगडा आनी एकोड्यां सवायशिणी बायलां वांगडा देवाक भोंवताडे काडटा. ह्या वेळार ताची बायल ताच्या फाटल्यान रित्या हातांनी चलता.

हरशीं दिवजां हीं बायलां खातीर आसता. तातूंत दादले वांटेकार जायनात. पूण एकदांच गांठवला वेळार, दादलो दिवज हातांत घेवन भोवताडे काडटा. उपरांत तो केन्ना दिवजांनी भाग घेना. उपरांत दर वर्सा फकत बायलच दिवजांनी वांटेकार जाता. लग्ना उपरांतचे पयले जात्रेक, कसलेय अडचणीक लागून, दांपत्याक गांठवलाचें दिवज पेटोवंक मेळ्ळें ना तर फुडें खंयचेय जात्रे रातीं तें पेटोवपाक मेळटा.

आदल्या काळातं गरिबीक लागून तशेंच वाहनां चड नाशिल्ल्यान लग्न जावन भुरगीं नातरां जालीं तरी देवाचें दर्शन घेवंक पयसुल्ले लोक पावनासले. केन्ना तरी कुलदेवतेक भेट दिवपाचो योग येतालो तेन्ना हो घरचो जाणटो मनीस, पूत आनी लग्न जाल्लो नातू हांकां घेवन देवाचें दर्शन घेवंक येतालो. तेन्ना नव्या लग्न जाल्ल्या नातवाच्या व्हौंवरा वांगडाच बापूय-आवय, आजो-आजी हांचीय गांठवलां करप जातालीं.

**-सं.**

**पुरक नोंद : दिवजां - उत्सव**

**गांठी :** मुगांच्या रोसाचो एक खाण-प्रकार. ह्या खाणांत मुगांक कोंब काडटा. ह्या कोंबाच्या गांठी सारक्या आकारा वयल्यान हाका मुगा गांठी नांव पडलां. मुगा गांठीक लागपी जिन्नस अशे आसात : ½ किलो कोंब काडिल्ले मूग, 7-8 सुक्यो मिरसांगो, 5 लवंगा, 7-8 मिरयां, 1 कुलेर आमटाण, मूठभर कोथमिऱ्यो, एका नाल्लाची सोय, फोडणांपुरतो हिंग, चमचोभर हळदिचो पिटो, एक चमचो सासवां, कर्बीलाचीं पानां, रूचीपुरतें मीठ आनी गॉड.

खाण करपाची पद्दत : 2-3 दीस भिजोवन कोंबायल्ल्या मुगांचीं सोल्लां काडून मूग शिजोवन घेवंचे. कोथमीर, लवंगां, हळदिचो पिठो, मिरसांगो, मिरयां हो मसालो मात्सो भाजून घेवंचो. सोय, आमटाण आनी हो भाजिल्लो मसालो, बारीक वाटून घेवंचो. हें सगळें वाटप शिजयल्ल्यां मुगांनीं घालचें. रूचीपुरतें मीठ आनी गॉड घालून सगळें शिजोवचें.

ह्या शिजिल्ल्या मुगां गांठींक हिंग, सासवां आनी करबीलाच्या पानांचीं फोण्णां दिवंचीं. ह्या मुगां गांठीनी इल्ले कातलेचे आनी बियांचे कुडके घाल्यार त्यो आनीक रूच्चीक जाता.

लग्नाच्या जेवणाक तशेंच धार्मीक कार्यावळींक वा शिवराक जेवणाक मुगां गांठी चड करून करप जाता. मुगांच्या गांठीतल्यान प्रोटिन्स मेळटा. तो जिन्नस पौश्टिक आनी रूचीक आसता. कोंबायल्या मुगांच्यो तरेकवार उसळ्योय करता. कांदो घालून वा कांद्या विरयत त्यो करूं येता.

**-सुधा सु. आमोणकार**

**गाडी : पळयात → बैल गाडी, टांगो, (घोडो गाडी)**

**गाडो :** चार चाकांचेर चलपी (mobile) गोंयांतलो किरकोळ वेपाराचो पसरो. गोंयांत चड करून विडी, सिगार, फस्क, दातोण्यो, पेस्ट, ब्रश, पोव, ब्लेड, क्रीम, लेंस सारकिले, यात्रेकारांक



लागपी जिन्नस विकपी, ल्हान पसरकार हे गा चलयतात. हॉटेलां, सिनेमा-घरां, बस-स्टॉप, बाजा सारकिल्या लोकांचे रहदारीचे सुवातींचेर गाडे उब करतात.

चार चाकांचेर लोखंडी कामीचे बसकेर एक खर्ण लांकडी खोको. आनी लांकडी खोक्यांत सामान दाळू दवरपाक केल्ले आरशांचे, बिनआरशांचे खण अर्श सर्वसादारण गाड्याची रचणूक.

दीसभर रस्त्याकुशीक उबे आशिल्ले हे गाडे रातचे चाकां वयल्यान आपापल्या घरा व्हरचे अशी सुरवेक अपेक्षा आसली. पूण कालांतरान एका जाग्यार उबे राविल्लो गाडो थंयच दवरून गाडेकार घरा वचूंक लागलो. ल्हव ल्हव करून गाडे ते ते सुवातेर कायम रूपांत थीर जाले. हाचो परिणाम म्हणून लोकांचे रहदारिचे सुवातींनी सगळ्यांच रस्त्याकुशीक गाडे सुवात आडोवन बसले. नगरपालिकेचे अनुमतीन आनी रितसर फी भरून गाडेकारांचो धंदो चलता आसलो तरी तांची येरादारीक जावपी आडखळ मतींत घेवन कांय समाजसेवक तांचे आड न्यायालयांत गेले. लोकांक आडखळ जावपी हे गाडे थंयसून काडून तांकां दुसरी सुवात नगरपालिकेन उपलब्ध करची म्हणून न्यायालयान आदेश दिलो. त्या आदेशाची कारवाय जावन गोंयच्या शारांतले येरादारीक आडखळ हाडपी गाडे ते सुवाती वयल्यान दुसरे सुवातेर

ले. अशें जाल्ल्यान गाडेकार आनी तांच्या गिरायकांची डी गैरसोय जाली. गाडे पर्थून पयलींच्या सुवातींचेर रपाक अनुमती दिवची म्हणून गाडेकार ह्या ना त्या पान नगरपालिकेक विनंती करीत आसात. कांय णांनी तर आदले सुवातीचेर, जमनीर कांय जिन्नस ळून, एक दोन दीस विक्री करून प्रतिमात्मक निशेदय लो.

आदल्या तेंपार गोंयच्या शारी वेव्हारांत आपली शेली वळख घेन उबे आशिल्ले हे गाडे इतिहासजमा वपाचे वाटेर आसात.

खासा गोंयकारांचे मालकिचे पारंपारीक गाडे काळा ाड वचत आसले तरी भेळ-पुरी, पाव-आम्लेट, वडा-व, आईस्क्रीम, उशी-रोस, हरवो-मको हांची विक्री रपी गोंयाभायल्यांचे फिरते गाडे शारांनी चलतात. हे डेकार आपलो विक्री वेवसाय करून रातचे आपल्या रा गाडे घेवन वता आशिल्ल्यान तशेंच तांकां आंखून ल्ली सुवात ही येरादारी पासून पयस आशिल्ल्यान ांका कोणाचो विरोध जाल्लो दिसना.

- सं.

**गांथन (कमात) :** नुस्त्याचें कल्लें आनी तोंड हांचे मदसून पोवलेचो, ुताचो, सुंबाचो वा नायलोनचो दोरो घोळोवन केल्ली ुस्त्या माळ.

धरिल्ल्या नुस्त्यांची वेवस्थीत मांडणी जावंची म्हणून शो माळो करपाची आदीं पद्दत आसली. माळांचेर नुस्तें कमेकार सारकें दाळूंक मेळटालें. तशेंच दर एके माळेक ुस्त्याचो आंकडो समान आशिल्ल्यान नुस्त्याची ोलावणी करप सोपें जातालें. ते भायर नुस्तें पाटल्यांत रप-काडप, एका जाग्या वयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हरप-हाडप, अशा साबार वेव्हारांक सुट्या नुस्त्या परस ांथनीच्या नुस्त्याचो बरो उपेग जाता. हालीं सरा गांथनी र्रासपणान दिसनात. तांचे सुवातेर नुस्त्याचे वांटे वा ोखून नुस्ते घेवपा-दिवपाचो वेव्हार चलतात. तरीय



आजूनय खंय खंय गांथनी नुस्त्या बाजारांत पळोवंक मेळटात.

-सं.

**गाद : पळयात → ओंपार**

**गाम, व्हाश्कु द :** (जल्म : इ. स. 1460, सीनिश - आलेन्तेजु - पोर्तुगाल : मरण : 25 डिसेंबर, 1524, कोचीन - भारत)

एक नामनेचो पुर्तुगीज तारवटी (भोंवडेकार). ताच्या बापायचें नांव इश्तेव्हांव द गामा जाल्यार आवयचें इझाबेल सोद्री अशें आसलें. ताच्या भावाचीं नांवा पाउलु आनी आयरीश तर भयणीचें तेरेझा अशें आसलें. 1501 वर्सा तो कातारीन द आताईद हिचे कडेन लग्न जालो. ताका स पूत आनी एक धूव आसली. तांचीं नांवां : फ्रांसिश्कु, इश्तेव्हांव, पेद्रु, पाउलु, क्रिश्तोव्हांव,

आल्व्हारू आनी इझाबेल. हातूंतलो फांसिश्कु व्हिदीगैराचो दुसरो कोन्दि, इश्तेव्हांव हो गोंयचो गोवेर्नादोर तर आल्व्हारू मलाकाचो कापितांव जालो.

व्हाश्कु द गाम, दर्या वेल्या सगळे तरेच्या कामांत कुशळ आसलो. तशेंच देशा खातीर ह्या मळार ताणें केल्लो वावरूय म्हत्वाचो आसलो. 1477-90, 1502-03 आनी 1524 वर्सा भारतांतल्यान केल्ल्या दर्या भोंवडेक लागून केप ऑफ गुड होप मार्ग, पश्चिम युरोपांतल्यान भारतांत वचपी (पूर्व) मार्ग सुरू जालो आनी जागतिक राजकीय इतिहासांत एक नवें युग सुरू जालें. पुर्तुगालची दर्यापार राजसत्ता प्रस्थापीत करपाक हे भोंवडेन प्रोत्साहन दिलें. 1492 ते पोर्तुगेज राजाच्या आदेशा वेल्यान सेतूबल आनी आल्गार्व्हि हांगाची कांय फ्रेंच तारवां ताणे धरलीं. 1494 -95 त एके गुपीत दर्या भोंवडेंत केप ऑफ गुड होप वटेन तो सोफालाक पाविल्लो. हे खातीर 1497 त पोर्तुगालच्या राजान ताका दर्यामार्ग सोदून काडपाच्या वावरा खातीर फुडारी म्हण वेंचून काडलो. 1497 चे भारत भोंवडेंत ताच्या वांगडा 4 तारवां आनी 170 मनीस आसले.



'सां ग्राब्रियल' ह्या ध्वज तारवांत तो स्वता आसलो. 'सां राफाएल' चें फुडारपण ताचो भाव पाउलु करतालो. निकोलांव फुयेल्यु 'बर्रियु' ह्या तारवाचें फुडारपण करतालो. गोन्सानु नूनीश हो चवथ्या म्हाला तारवाचो मुखेली आसलो.

व्हाश्कु द गाम लिश्बोआसावन शेनवार, 8 जुलय 1497 दिसा भायर सरलो. 22 नोव्हेंबराक ताणें 'केप ऑफ गुड होप' हांगा मोडण घेतलें. त्याच म्हयन्यांत तारवां वयले बरेचशे खलाशी एका रोगाचे धामींत मेल्ल्या कारणान मोंसलच्या उपसागरांत ताचे 'साओ राफेएल तारूं' ताच्या आदेशा वयल्यान नश्ट केलें. उरिल्ल्या व्हड्यांचो ताफो 2 मार्च 1498 दिसा मोझांबिकाक, 7 एप्रिलाक मोम्बासाक (आतां केनियांत) आनी 13 एप्रिलाक मेलिंदाक (आतां केनियांत) पावलो. अहमद -इल-मजीद ह्या गुजरातच्या नावाड्याच्या आदारान मेलिंदा सावन मलबार मेरेनचो दर्या व्हाश्कु द गाम हुपूंक शकलो. व्हड्यांचो हो ताफो कालिकतचे उत्तरेक 13 कि.मी. अंतराचेर आशिल्ल्या कप्पूकड हांगा20 मेक पावलो.

कालिकतच्या झामोरीन ह्या हिंदु राजान व्हाश्कु द गाम हाका येवकार दिलो. पूण थळाव्या मुस्लीम वेपाऱ्यांचे दुस्मानकायेक लागून तेन्ना इश्टागतिच्यो वा उद्देगाविशींच्यो कबलाती जावंक पावल्यो नात. ऑगस्ट म्हयन्यांत 5 मलबारी मनीस, मसालो आनी हेर म्हाल घेवन तो मलबार सावन भायर सरलो. ऑक्टोबरचे सुरवेक ताणें भारत सोडलो. 9 सप्टेंबर 1499 दिसा लिश्बोआंत परत पावलो. पोर्तुगाल देशांत तो आपले 55 मनीस आनी दोनूच तारवां घेवन वचूंक शकलो. हे भोंवडेंतल्यान ताका लुकसाणापरस साठ पटीन फायदोच जालो अशें म्हणटात.

1502 ह्या वर्सा ताणें भारताची दुसरी भोंवडी केली. तेन्ना ताका 'हिंद दर्याचो धनी' ही पदवी मेळिल्ली. वाटेर दर्यांत ताणें जायत्या अरबी व्हड्यांचेर घुरी घाली. भारताचे अस्तंत देगेर होनावर, भटकळ आनी कालिकत हांगा बॉंब हल्ले केले. कालिकत राजाचो दुस्मान

ोचीनचो राजा हाचे कडेन बरेपण दवरून ताणें इश्टागत ोडली. 1503 वर्सा तो पर्थून लिश्बोआंत पावलो. ारतांतल्यान पोर्तुगालांत येवपी दरेका राजेशायी तारवां ाफ्याचेर 200 क्रुझादु मोलाचो वेपार करपाची परवानगी ाका मेळ्ळी. हाका लागून तो पोर्तुगालांतलो सगळ्यांत ंरेस्त मनीस जालो. तो एव्होरा हांगा रावतालो. भारतीय ंस्नां विशीं पुर्तुगीज राजाक बुद्ध दितालो. 1524 त ारताचो व्हिसिरेय म्हूण ताणें सुत्रां हातांत घेतलीं आनी ारतांतल्या पुर्तगीज वसाहतींत निर्माण जाल्लो ्रशासकीय गोंदळ निस्तारून वसाहत प्रशासनांत सुदारणा ाडली.

वास्को द गामाची भारताची पयली दर्या भोंवडी हे इतिहासीक मोहिमेचेर, पुर्तुगीज राष्ट्रीय कवी कामॉइस (1524-80) हांणें 'अस लुझियादस' हें पुर्तुगीज म्हाकाव्य बरयलें. पुर्तुगालाचो राजा पयलो मॅन्यूएल हाणें द गामा क इंग्लीश 'सर' हे पदवेक समांतर आशिल्ली 'दों' हो किताब दिलो. 1519 वर्सा ताका 'व्हिदिग्वेराचो काऊंट' ही उपाधी प्राप्त जाली. गोंयांतल्या मुरगांव ह्या बंदर शाराक पुर्तुगीजांनी 'वास्को द गामा' हें नांव दवरिल्लें. गोंय स्वतंत्र जातकच सरकारन हें नांव बदलून मराठा राजा संभाजी हाच्या नांवांन ताचें संभाजीनगर अशें नामांतरण केलें.

24 डिसेंबर 1524 वर्सा ताका कोचीनांत मरण आयलें. उपरांत ताचे पार्थीव अवशेश पुर्तुगालाक व्हेले.

**-सं. मं.**

**गाय : पळयात → गोरवां**

**गांयडोळ :** एक सरपटपी प्राणी : (वर्ग - कीटीपोडा : गण-ऑलिगो कीटा)

गांयडोळ हो दंडगोलाकार सरपटपी प्राणी आसून ताच्या दोनूय तोंका कडेन तो अशीर जाल्लो दिसता. ताच्या शरीराचे सुमार 100 ते 120 खंड वा भाग पडिल्ले आसतात. 14 ते 16 ह्या भागा भोंवतणी ग्रंथीमय उतकाची जाल्ली पर्याणिका (कातीचो फुगील्लो ग्रंथीमय भाग) आसता.

गांयडोळाच्यो कितल्योश्योच जाती आसात. तातूंतली 'फेरेटिमा पोस्थ्यूमा' ही जात भारतभर चडशी दिश्टी पडटा.

गांयडोळाची लांबाय सुमार 15 सें.मी. आसता. ऑस्ट्रेलियांत मेळपी मेगस्लोलेक्स गांयडोळाची लांबाय 3मी. आसता.

भारतांत सांपडपी गांयडोळाचो रंग काळसार मातये कोराचो आसता. गांयडोळ जैव (सेंद्रिय पदार्थ) आनी आर्द्रता आशिल्ले मातयेंत रावतात आनी माती खावन जियेतात.

गांयडोळाच्या शरीराचेर तोंड, गुद्द्वार, एक स्त्रीजन-रंध्र, दोन पुंजनन -रंध्रां आनी शुक्र-ग्राहिका रंध्राच्यो चार जोडयो आसतात. दरेका भागा भोंवतणी मदीं कायटिनी (एक पदार्थ) आनी शूकांचें वलय (ल्हान, ताठ आनी सरळ केंसाची रचणूक) आसता. पयले 12 भाग सोडून उरिल्ल्या सगळ्या भागांचेर मध्यपृष्ठभागार शरीराचे पोकळेंत जोडिल्ले ल्हान बुराक आसतात. शिरांचे पोंकळेंत आशिल्ल्या पड्ड्याक लागून खंडीभवन जाता. भितरलें आनी भायलें खंडीभवन एकामेकां कडेन जुळपी आसता.

गांयडोळाचें तोंड, तोंडाची पोकळी, ग्रसनी (तोंडाच्या पोकळे फाटल्यान आशिल्ल्यो अन्न नलिकेचो स्नायूमय



भाग) ग्रसिका, (ग्रसनीसावन आंतकड्या मेरेनचो आदार नालाचो भाग), पेशणी (अन्न बारीक करपी साधन) आंतकडी, मलाशय आनी गुद्द्वार हे पचनसंस्थेचे मुखेल भाग आसतात.

गांयडोळ द्विलिंगी आसता. पूण ताच्या शरीरांत शुक्राणू आनी ततयां हांचो संयोग दिसना. वृषणाच्यो दोन आनी अंडाशयाची एक जोडी ताच्या शरीरांत आसता. अंड्याचें फक्सन 'कोकून' ह्या कोशांत जाता.

कोकूनांत एका वेळार एकाच तांतयांचें परिवर्धण जाता. गांयडोळ पावसाच्या दिसांनी तांतयां घालता आनी कोकून जमनीर उडयता. पिलां जमनींत जल्म घेतात. गांयडोळांत पुनर्जननाची (शरिराचो ना जाल्लो भाग परतो घडोवपाची) तांक आसता.

गांयडोळाची विश्टा सेंद्रीय साऱ्या भशेन आसता. ते खातीर गांयडोळ जे जमनींत रावता थंयची जमीन पिकाळ जावन थंयच्यान बरें उत्पन्न मेळटा. म्हणून कांय कडेन गांयडोळाची पैदास करून जमीन पिकाळ करपाची वेवस्था करता.

गांयडोळ बिनविखारी आसता. पूण गांयडोळाची लाळ कातीक लागली तर गांयडोळ -फोड जावपाची शक्यताय आसता.

**कोंकणी म्हण : हार उडटा म्हणून गांयडोळ उडटा.**

हार हो जिवान व्हड आसता. गांयडोळ ल्हान आसता. व्हडल्यान उडयो मारल्यो तर त्यो व्हडल्यो आसता. ल्हानाचो उडयो ल्हान जाल्ल्यान त्यो व्हडल्यांच्या उडयांची बराबरी करूंक पावना.

कोणय गिरेस्त वा बळिश्ट मनीस व्हडलें काम आंगार घेता म्हण गरीब वा अशक्त मनशान आपणूय तेदेंच काम करतलो म्हणटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

हारा वांगडा गांयडोळ उडूंक लागलो तर हारापोंदा गांयडोळ चिड्डुपाचो भंय आसता. तशें बळीश्ट वा गिरेस्त मनशा कडेन अशक्त वा गरीब मनशान बरोबरी करूंक घेतल्यार तो हरल्या बगर रावचोना. होय अर्थ हे म्हणींत अभिप्रेत जाता.

-सं. मं.

**गायत्री (मंत्र)** : गायत्री छंदांतलो एक मंत्र. उपनयन संस्कारांत ब्रह्मचर्याची दीक्षा दिल्या उपरांत ज्या मंत्रावरवीं ब्रह्मचाऱ्याक आचार्या कडल्यान उपदेश करप जाता तो मंत्र म्हणजेच 'गायत्री मंत्र'. सांजेच्या वेळार देवामुखार प्रार्थना करतना ह्या मंत्राचो जप करतात. ऋग्वेदांत गायत्री छंदांतले खुबशे मंत्र आसात. वर्ण्यविशय 'सविता' ही ह्या मंत्राची देवता. गायत्री मंत्र हो सविता देवाच्या प्रार्थनेचो मंत्र. म्हणून ताका 'सावित्री' म्हणटात. ताचो कर्तोम्हणजेच ऋषी विश्वामित्र. तो मंत्र असो आसा :

**तत्सवितुर्वरेण्य भर्गोदेवस्य धीमहि।**
**धियो यो नः प्रचोदयात्॥**

(ऋ. 3.62.10)

**अर्थ** : सविता देवाचें सर्वश्रेष्ठ अशें तेज आसा, ताचें ध्यान आमीं करता. तो आमच्या विचारांक प्रेरणा दीवं.

हो मंत्र जप केल्यार आशिल्लें नाशिल्लें पाप नश्ट जाता. म्हणून ह्या मंत्राचो जप करचो अशें सागलां. 'गायत्री पुरश्चरण' नांवाचो तीन वर्सांचो तप धर्मशास्त्रांत सांगला. ह्या तपांत ह्या गायत्रीचो जप दर दिसा दीर्घकाळ तीन वर्सां करपाचो आसता. ताच्या योगान म्हापातकाचो नाश, विद्येचें तेज, वाचेची सिद्धी आदी फळां प्राप्त जातात, अशें सांगलां. ह्या मंत्राचो गूढ विशेष तात्त्वीक अर्थ, जैमिनीय उपनिषद्ब्राह्मणांत सांगला.

-सं. मं.

**(डॉ.) गायतोंडे, पुंडलीक दत्तात्रय** : (जल्म :3 जुलय 1913, पाळोळें, कोणकोण-गोंय, मरण : --- 1996, इंग्लंड)

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें पणजी शारांतल्या मेडीकल कॉलेजींत वैजकी शिक्षण घेतलें. उपरांत तो

ःडलें शिक्षण घेवपा खातीर पोर्तुगालाक गेलो. थंयच्या ग्द्यापिठाची पदवी घेवन ताणें एक नामनेचो सर्जन म्हण ांव मेळयलें.

गोंयात येतकच ताणें म्हापशें शारांत वैजकिचो वेवसाय ुरू केल्लो. राष्ट्रकार्यांत तशेंच समाजीक वावरांत वांटो ोवपाची प्रेरणा ताका घरचे परंपरेतल्यान मेळ्ळी. मागीर ायतोंडे गोंयचे सुटकेक वावुरतल्या 'नॅशनल काँग्रेस ोंय' हे संघटनेचो वावुरपी जालो. पोर्तुगाला सांवन ाक्षण घेवन आयिल्ल्यान ताचे पोर्तुगेज अधिकाऱ्यां ःडेन बरे संबंद आसले.

14 फेब्रुवारी 1954 ह्या दिसा पोर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी ाणजेच्या एका हॉटेलांत, पोर्तुगेज अधिकारी न्यायाधीश मेद् हाका निरोप दिवपाची कार्यावळ केल्ली. तेन्ना ार्यावळींत भाशण करतना डॉ. कुलासो हाणें 'गोंय हो ोर्तुगालाचोच एक भाग' इतलेंच न्हय तर तें पोर्तुगाल' ाशा अर्थाचें एक वाक्य उच्चारलें. तेन्ना डॉ. गायतोंडेन Eu protesto) (म्हजो विरोध आसा) ह्या उतरांनी आपलो विरोध परगटायलो. ताच्या हया विरोधाक लागून 17 फेब्रुवारी 1954 दिसा ताका अटक करून ोर्तुगालाक धाडलो.

1954 वर्सा सावन ताणें स्वतंत्रतायेचो आनी ोकशायेचो पुरस्कार केलो. सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हाच्या फुडारपणाखाला ॲड. गोपाळ आपा ामत, ॲड. पांडुरंग मुळगांवकार, शंकर सरदेसाय हांचे ांगडा गायतोंडे वावर करतालो. सावंतवाडी जाल्ले नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे बसकेंत 18 जून दिसा डॉ. गायतोंडेच्या फुडारपणाखाला अहिंसक रितीन सत्याग्रह करपाचें थारलें. पूण ताचे पयलींच ताका अटक जाली.

पोर्तुगेज सरकाराच्या लिस्बन न्यायालयान 8 जुलय 1954 दिसा गायतोंडेक बंदखणींत आशिल्ले दीस धरून तीन म्हयने बंदखण वा उरिल्ल्या दिसांचो दर दिसाक 40 इस्कुदांप्रमाण दंड, 12वर्सां मेरेन नागरीक हक्कबंदी, पांच वर्सां पॅरोल आनी ह्या काळांत पोर्तुगेज देशा भायर न वचपाची अट, खंयच्याय संस्थांनी सहभागी न जावप आनी 1 हजार इस्कूद दंड अशी ख्यास्त फर्मायली. ह्या खातीर नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेन पोर्तुगेज सरकाराचो निशेद केलो आनी 17 फेब्रुवारी 1955 हो दीस 'डॉ. गायतोंडे दीस' म्हण पाळिल्लो आनी गोंयभर सत्याग्रह केलो.

एप्रिल 1961 वर्सा मोरीक्को देशांतल्या कासाब्लांका शारांत आफ्रिका आनी हिंदुस्थान ह्या देशांतल्या पोर्तुगेज वसाहतीखालच्या स्वातंत्र्यवादी संघटनांच्या फुडाऱ्यांची तीन दिसांची एक परिशद भरिल्ली. तातूंत आंगोला, गोंय, मोसांबिक, सांतो मे, प्रिंसिपी, गीने, काबुव्हेर्दी वसाहतींतले प्रतिनिधी हाजीर आसले. तातूंत नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो अध्यक्ष ह्या नात्यान डॉ. गायतोंडेन वांटो घेतिल्लो.

कांय दिसांनी गायतोंडे अमेरिकेक गेलो. थंय ताणें न्यूयॉर्क टायम्स आनी हेर नेमाळ्यां वरवीं तशेंच आकाशवाणीवेल्यान गोंयचे प्रस्न लोकांमुखार मांडले. तेभायर फुडारी नॉर्मन थॉमस हाका तो मेळ्ळो आनी ताचे मुखार ताणें गोंयच्या प्रस्नाची गंभीरताय उक्तायली. 'इंडियन काऊन्सिल फॉर आफ्रिका' हे संस्थेन 21 ऑक्टोबर 1961 दिसा दिल्लीक विज्ञान भवनांत तीन दिसांचो परिसंवाद घडोवन हाडिल्लो. हातूंत अंगोला, मोसांबिका, गीने, टांझानिया, मोरोक्को, झांबिया, केनिया, रोडेशिया आदी वसाहतिंच्या प्रतिनिधी वांगडा गोंयचो प्रतिनिधी म्हूण डॉ. गायतोंडेन वांटो घेतिल्लो. अहिंसक पद्दतीन वा संयुक्त राष्ट्रसंघावरवीं वसाहतिचे प्रस्न सोडोवचे ह्या विचार प्रवाहाक खर विरोध करून ताणें शस्त्राक शस्त्रान जाप दिवची पडली, ह्या विचारप्रवाहाक पुश्टी दिली.

डॉ. गायतोंडेक ताच्या सुटके झुजांतल्या वावरा खातीर खूब भोवमान फाव जाल्यात. तेंचपरी गोंयचो पयलो खासदार जावपाची संद दिवन भारत सरकारान ताचे सेवेची आनी कर्तुत्वाची दखल घेतली. लंडनात रावन ताणी कर्करोगाचेर संशोधन कार्य केलें. तशेंच ताणे बरयल्लो "Portuguese Pioneers in India -

Spotlight on Medicine" हे वैजकी शास्त्रांतलो म्हत्वाचो ग्रंथ आसा.

**- सं.**

**गायतोंडे वासुदेव** : (जल्म : 1924, नागपूर, मरण : ऑगस्ट 2001, दिल्ली).

एक नामनेचो चित्रकार. भारतीय आधुनीक कलाविश्वांत वासुदेव गायतोंडे हाची एक म्हान'अमूर्तवादी चित्रकार' म्हूण नामना आसा. गायतोंडे हाचो जल्म 1924 वर्सा नागपुरांत जालो. गायतोंडे मुळचो गोंयचो. ताचें भुरगेंपण गोंयांतच गेलें. ते उपरांत शाळा-शिक्षण मुंबयच्या चिकित्सक हायस्कुलांत जालें. मॅट्रिक मेरेनचें शिक्षण जातकच ताणें एका खाजगी आर्ट स्कुलांत चित्रकलेचें शिक्षण घेतलें. उपरांत जे जे स्कूल ऑफ आर्ट महाविद्यालयांतल्यान चित्रकलेचें शिक्षण पूर्ण केलें. जे. जे. स्कूलांत कांय काळ फेलो म्हूण काम करतकच 1964 वर्सा ताका 'रॉकफेलर' शिश्यवृत्ती मेळ्ळी आनी तो न्यूयॉर्काक गेलो. बोस्टन, शिकागो, सानफ्रान्सिस्को आनी हेर अमेरिकन चित्रशैलीची ताणें वळख करून घेतली. ते उपरांत जपानाचे भेटींत थंयच्या 'झेन' तत्वज्ञानान तो प्रभावीत जालो. 1972 वर्सा तो भारतांत परतलो आनी ते उपरांत निमणे मेरेन ताचो राबितो दिल्लीकच उरलो.

ल्हानपणांत गांवांतल्या देवळांतल्या वण्टीं वयल्या चित्रांक लागून ताका चित्रकले विशीं आकर्शण निर्माण जालें. 'जे. जे.' त आसतना ताणें लघुचित्रांचो (मिनिएचर) खास सराव केलो. पाश्चात्य कलेंतले रंग आनी रचना हे विशीं आकर्शण आशिल्लो गायतोंडे खास करून स्विस चित्रकार पॉल क्ले हाचे चित्रशैलीन प्रभावीत जालो. 1950 मेरेन मुखेलपणान आकृतीप्रधान चित्रां काडपी गायतोंडेची उपरांतची वाटचाल अमूर्त चित्रशैलिच्या आंगान जाली. कायं काळ पॉल क्लेच्या प्रभावा खालचीं चित्रां काडटकच ताणें ताची स्वतंत्र शैली विकसीत केली.

सुलेखनकारीक आकार तशेंच चित्रलिपींतल्य आकारांतल्यान साकार जाल्ल्यो ताच्यो चित्रकृती खास गाजल्यो. केवलाकार रंग, पोत, अवकाश ह्या शुद्ध घटकांचो वापर हें ताचे चित्रकृतीचें खाशेलेंपण मानतात ह्या घटकांक आदारभूत मानून अध्यात्मीक अणभवाचे सोद घेवपी अत्मनिश्ठ कलाकार म्हूण ताका मान्यताय मेळ्ळी.

अमूर्तवादी कले विशी गायतोंडेचो विशिश्ट दिश्टीकोण आशिल्लो. आपले जिणे पद्दतींत 'झेन' तत्वज्ञानाचो स्विकार करपी गायतोंडेची 'भारतीय तत्वज्ञानांतलें सत्वरूप म्हणजेच मूलभूत दृश्य -घटक आनी ते घटक म्हणजे वैश्विकत्व' अशी धारणा आशिल्ली.

गायतोंडे हाच्या चित्रांचीं भारतांत आनी विदेशांतय खूबशीं प्रदर्शनां जालीं. 'यंग एशियन आर्टिस्टस' (टोकियो) प्रदर्शनांतल्यान ताच्या चित्राक इनाम लाबलें. 1971 त भारत सरकारान ताचो 'पद्मश्री' भेटोवन सन्मान केलो.

चित्रमाध्यमाक आत्मसंशोधनाची प्रक्रिया समजून कलाविश्वांत आपलें योगदान दिवपी गायतोंडे हाचें नांव कला विश्वांत नामनेक पावलें.

**- सं.**

**गायर :** गोरवांचें शेण-मूत एकठांय करून दवरपाची सुवात. आदल्या काळांत शेताक सारें म्हणून मुखेलपणान गोरवांच्या शेणामुताचो वापर करताले. गोरवांच्या गोठ्यांतलें शेण-मूत एकठांय करून तें जमनींत खणिल्ल्या फोंडकुलांत भरताले आनी जेन्ना साऱ्याची गरज पडटा तेन्ना फोंडकुलांतलें मुरिल्लें शेण मूत व्हरून शेतांत घालताले. शेण-मूत सांठोवन दवरपाक खणिल्ल्या फोंडकुलाक गायर म्हणटात. ही गायर सुमार चार फूट खोल आनी सुमार तीन फूट रूंदायेची, चड करून बांय सारकी वाटकुळ्या आकाराची

ासताली. पावसाळ्यांत, गडगड जावन वीज हे गायरींत डली तर तिची भांगरा काणी जाता असो आदल्या ाळांत, गांवगिऱ्या वाठारांत समज आसलो.

आधुनीक काळांत गोबर गॅस निर्मितीचे प्रक्रिये ातीरय अशे शेणाचे गायरीचो वापर करप जाता. उपरांत ातुंतलें शेण सारें म्हण वापरतात.

आधुनीक काळांत नवीं रसायनीक तशीं सेंद्रीय सारीं यार रूपांत उपलब्ध जाल्ल्यान, गायरिंचो वापर उणो ाला आसलो तरी जायते कडेन आयज अश्यो गायरी नस्तित्वांत आसात आनी थंय शेण-मूत सांठवणींतल्यान ारें निर्माण करतात.

- सं.

**गांवकारी : पळयात → कोमुनिदाद**

**गांवठी वखदां : पळयात → 1) कसाय, 2) ाडो, 3) काण्णी घालप, 4) खतो, 5) खारें न्हाण, 6) गळगळो, 7)जळू लावप, 8) फोंत**

**गांव जेवण :** सबंध गांवांक (गांवच्या सगळ्यां लोकांक) घाल्लें जेवण. आदल्या काळांत लग्न-कार्य, पुजा-अर्चा, तिर्थाटन, पटी-बारसो, सारकिल्ल्या शुभ-प्रसंगार, गांवच्या लोकांक जेवण घालून, तांकां आपल्या आनंदांत सहभागी करून घेताले. एक तरी गांव जेवण घालूंक मेळचें अशी त्या काळांत गावांतल्या लोकांची इत्सा आसताली. अन्नदान हें एक श्रेश्ट-दान समजून तें करून ते वरवीं पुण्याय जोडपाची भावनाय थंय आसली. आदल्या काळांत गांवभरच्या लोकांक जेवण घालपाची आस्पत सगळ्यांकच नासताली. ती जांकां आसताली ते गांवजेवण घालून आपले गिरेस्तकायेचें दर्शन घडोवपाच्या उद्देशानय कांय जाण जेवणाचो बेत करताले.

गांव जेवणाचें आमंत्रण घरा घरांत मनीस धाडून वा मांडार जमिल्ले आसतना दिवप जातालें. हें शुभकार्या संबंधी जेवण आशिल्ल्यान तें शाकाहारी आसतालें. गांव जेवणा दिसा खंयच्याच घरांत जेवण शिज नासले. आदले परंपरेप्रमाण, गांवचे लोक एकठांय येवन गांव जेवणाची तयारी करताले. अन्न शिजोवप, वाडप, आयदनां घासप-पुसप सामुदायीक रितीन करताले. आदल्या काळांत व्हड पंगती बसपाएद्यो व्हड सुवाती (हॉल) नाशिल्ल्यान गावच्या घरांतल्या मेकळे सुवातिंनी जेवणाच्यो पंगती बसताल्यो. रांदपा-वाडपाचो वेवसाय करपी रांदपी हे वेवसायीक मुखार आयले उपरांत गांव -जेवणाचें रांदप-वाडप तांचे कडसून जावंक लागलें आसलें, तरी तें गांवचें कार्य समजून ताका हातभार लावपाचें आपलें गांव-कर्तव्य लोक करताले.

आतां लग्न-कार्यां गावांत जायनाशिल्ल्यान, तीं गांवां भायर जंय (हॉलांनी) जाता, थंय बुफे पद्दतीन (विशेश करून गोंयांत) वा जेवणावळ पद्दतीन (विशेश करून कर्नाटक, केरळांत) लोक-जेवण जाता. हांगा गावांतल्या लोकां वांगडाच लग्न-कार्याक हजर आशिल्ल्यां गांवांभायल्यांकय जेवण घालता. जेवण शिजोवप-वाडप हांगा कंत्राटी पद्दतीचेर जाता.

अशें आसलें तरी गांवांतल्या देवळांतले धार्मीक उत्सव, पुजा-अर्चा अशा प्रसंगार गांव-जेवण घालपाची रीत आजय चालू आसा. मात आदले वरी गांवांतले सगळे लोक झाडून आयच्या गांव-जेवणाक हजेरी लायिल्ले दिसना. धार्मीक वृत्तीचे भावीक लोक मात देवाचो प्रसाद हे भावनेन गांव-जेवण घेतात. हीं गांव जेवणां चड करून भौशीक तरेचीं आसतात. वैयक्तीक तरेचीं उणीं आसता.

- सं.

**गांवपण :** गांवची पारंपारीक कारभार-पद्दत. दर एक गांवांत, गांवचो कारभार पळोवपी गांवाची थळावी समिती आसता. गावांत जावपी गावचे पारंपारीक उत्सव, ग्रामदेवतेचे धार्मीक कार्यक्रम आनी गांवांतल्यो हेर तत्सम कार्यावळी हे समितीच्या

वेवस्थापनाखाला जातात. हातूंत जात्रा, काले, फेस्तां, उरूस, शिमगो, नाटकां अशा कार्यावळींचो चड करून आसपाव आसता. हाचे भायर सामाजीक, धार्मीक उपक्रम वा आपत्तकालीन हुंवार, वादळां, रोग-धामी सारकिले विशय लेगीत समितीच्या वेवस्थापनाखाला येतात. समितीच्या ह्या कारभाराक गांवपण म्हणटात.

खंयचेय संस्थेक आसता तशे हे समितीकय पदाधिकारी आनी वांगडी आसतात आनी ते सगळे संबंधीत गांवांतले अणभवी लोक आसतात. संस्थेची लिखीत अशी मांडावळ आसना. तशेंच बसकांचो लिखीत नियाळ आसना. चडसो वेव्हार तोंडी आनी शिश्टाचार पद्दतिचो आसता. अशें जरी आसलें तरी गांवकारांच्या ह्या गांवपणाक गांवांतल्या लोकांची मान्यताय आसता. गांवपणांत जाल्ले निर्णय गांवांतले लोक मानून घेतात.

आदल्या काळांत गांवचे सगळेच वेव्हार गांवपणांतल्यान जाताले. हातूंत गांवांतले वा कुटुंबांतले वाद-तंटे लेगीत गांवपणांत सोडोवप जाताले. आदल्या काळांत गांवांचो न्याय निवाडो करतांना गुन्यावकारांक ख्यास्त करपाचोय गांवपणाक अधिकार आसतालो. हातूंत दंड घालप, गांवां भायर दवरप, गांवांक, विशेश करून गांवांतल्या देवस्थानाक सेवा दिवप अशे ख्यास्तीचे प्रकार आसताले. हातुंतली गांवां भायर दवरप ही कडक ख्यास्त आसताली. ही ख्यास्त जाल्ल्या मनशाच्या कुटुंबा कडले सगळे तरेचे संबंध आख्खो गांव तोडटालो. तांगेर कोण कसल्याच बऱ्या वायट प्रसंगाचेर वचनासलो. ताका आपणागेर येवंक दिनासलो. अशे तरेन त्या कुटुंबांतल्या सगळ्यां वांगड्यांचो घुस्मटमार जावन हाल जाताले. केन्ना ह्या भायर दवरपाक अमुकच काळाची मर्यादा आसताली तर केन्ना तो काळ अमर्यादीत आसतालो. ही ख्यास्त जाल्ले व्यक्तीन आख्ख्या गांवांतल्या मनशांमुखार, देवाफुडल्यान, गांवांची माफी मागली तर ती ख्यास्त उणीं करपाची वा काडून उडोवपाचो अधिकार गांवपणाक आसतालो. आयज ही पद्दत गांवगिऱ्या वाठारांनी, पूण उण्या प्रमाणांत चलिल्ली दिसता.

आधुनीक काळांत, ग्रामपंचायतींचो गांवकारभार सुरू जायत सावन गांवच्या भौतीक गरजांचो कारभार पंचायती कडेन गेला. तशेंच न्याय-निवाडो करपाची स्वतंत्र न्याय-वेवस्था आतां गांवकारां खातीर उपलब्ध आसा. तेभायर गांवपणांत जाल्ल्या न्याय निवाड्याक अधिकृत न्यायवेवस्थेंत आतां मान्यताय मेळना. हाका लागून आयच्या काळांत गांवपण हें मुखेलपणान गांवच्या सांस्कृतिक कार्यावळी पुरतें शिमीत उरलां.

**कोंकणी म्हण : झांकून झांकून गांवकार जावप.** हें झांकप गांवपणांत जाता. गांवपणांत गांवकारांक आपलें मत मांडपाची मेकळीक आशिल्ल्यान, गांवकार थंय आपलें मतप्रदर्शन करता. अशें करतां करतां तो गांवपणांतलो अणभवी जाता आनी एक दीस गांवकारभार पळोवपी समितीचेर पावता. (गांवकार जाता)

जेन्ना कोणय अणभव घेयत घेयत खंयच्याय कामांत फिशाल जाता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

-सं.

**गांवाभायर दवरप : पळयात → गांवपण**

**गार :** पाली सारको दिसपी एक सरपटपी प्राणी. 'बंगाल मॉनिटर (Bengal Monitor) हें ताचें शास्त्रीय नांव. तो प्रष्ठवंशी (Vertebrates) विभागांत आसपावता. सरीसृप Reptile वर्ग, वारानोमोर्फा गण, कूळ : मॉनिटरस, जात : वारानस, उपजात : इंडोवानस, प्रजात : वानास बंगालेसीस हातूंत ह्या प्राण्याचो आसपाव जाता.

ताची लांबाय सुमार 90 सें.मी. ते 3 मी. मेरेन आसता. वजन 20 ग्राम ते 135 कि. ग्रॅ. मेरेन आसता. ताच्या दोळ्यांक पातयो आसना. दांत घट्ट, शेंपडी जड आनी लांब आसता. गाराच्या आंगा वयली कात दाट



नानी खरखरीत आसून तिचेर वाटकुळीं खवळां नामतात. सकयली कात गुळगुळीत आनी दाट आसून ाचेर चवकोनी खवळां आसतात. खाडके कडली कात ातळ आनी मोव आसता. गाराचो रंग कुडिचे वयले वटेन ुडी रंगाचो आनी पांचवोचार आसता. कुडिचे सकयले टेनचो रंग धवसार हळडुवो आसता. ताचीं बोटां, नाखटां नयत, लांब आनी घट्ट आशिल्ल्यान कसलेय तरेचे ामनीचेर तें सोंपेपणान चडटा. गार आपले जिबेचो वापर व्रास करून वास घेवपा खातीर करता. ताचे पांय बळीश्ट आमतात आनी तें ताच्या पायांचो उपेग नेटान धांवपा ख़ातीर करता.

गार चडकरून कोणाचेच वाटेक वचना. ताका नारपाक कोणय आयलो तर जीव वाटावपा वेळार मात तें हल्लो करता.

गारांच्यो कांय जाती आनी तांचें वाठार अशे आसात : डेझर्ट मॉनिटर - सहारा ते पाकिस्तान मेरेनच्या रेंवेच्या वाठारांत, नायल मॉनिटर - सहारा ते आफ्रिका, येलो मॉनिटर आनी केप मॉनिटर - आफ्रिका, पाकिस्तान ते बंगाल, टू बेंडेड मॉनिटर - बंगाल ते चीन, श्रीलंका, ऑस्ट्रेलिया (लांबाय : 3 मी.), कोमोडी ड्रेगोन - कोमोडो जुंवी, शिमिटस मॉनिटर - न्यू गिनी, पापुवा मॉनिटर - न्यु गिनी, रफ नेकेड मॉनिटर - ब्रह्मदेश, स्पेन्सरस मॉनिटर, मेर्टनस मॉनिटर, मीचेल मॉनिटर, शोर्टटिलड मॉनिटर (लांबाय 20 सें.मी.) ह्यो आसात गारांच्यो जाती.

कोंकण वाठारांत गारां चड करून दाट रानांनी, उदका भोंवतणी वा झाडांचेर आसतात. कोंकणांतल्या कांय वाठारांनी, कांय गारां उक्त्या मळारूय भोंवतात.

प्रजनन : मादी फळटकच ती आपलीं तांतयां जमनींत पुरता वा झाडाचे घोलींत घालता. तांतयां 7 ते 57 लेगीत आसतात. तीं मोंव आसून रोखडींच फुटतात. तांतयां उबयतकच पेटे भायर सरतात आनी हे पेटे 3 ते 5 वर्सांनी व्हड जातात.

कांय जाण हो प्राणी पोसतात. ऊंच दोंगरी वाठारांनी वाट सोदून काडपाक तांकां खास शिकप दितात. गाराचीं नाखटां सशक्त आशिल्ल्यान तीं दोंगराचे कपारींत बरीं रोमून उरतात. मराठ्यांचो सरदार तानाजी मालुसरे हाणें कोंडाणा किल्ल्याचेर चडाय करतांना, गाराचे शेपडेक दोरी बांदून, तिच्या आदारान किल्ल्याचेर चडून गेल्लो अशी कथा सांगतात.

गार झाडांचो पालो खायना. ताचें खाण म्हळ्यार बारीक जीव आनी सादारण जनावरां जशीं : किडे, शेड्डे, पिलां, नुस्तें, बेबे, शेवणीं, हुंदीर, जिवाणीं, तांतयां आनी ल्हान व्हड जीव. मोटें गार (जायंट कोमोडो ड्रॅगन) जनावरांची मडीं वा स्वतापरस व्हड जनावरांचे कुडके करून खातात. ताचें तोंड मोटें वा रूंद आशिल्ल्यान सबंद जनावर लेगीत तें गिळपाक शकता. खाल्लें अन्न पचोवपाक ताका दोन दीस लागतात. ताचें उदक पिवपाचें प्रमाण खूब कमी आसता.

मनशान गाराचो बरे तरेन उपेग केला आनी करता. गाराचे रगत वखदी आसून ते दम्याच्या विकाराचेर घेतात. मनीस गाराचें मांस आनी तांतयां खाता. गाराची कात काडून, ती सुकोवन ताचें चामडें घुमटासारकिल्ल्या चर्म वाद्यांक वापरतात. पूण आतां पर्यावरणीय नदरेन मोनजातिच्या चामड्याच्या वापराचेर बंदी घातल्या. आनी अशा चामड्याचो वापर करतल्यांक ख्यास्त फर्मायल्या.

- **सं.**

**ग्रामदेव :** गांवचें ग्रामदैवत. दर एका गांवांत अशें ग्रामदैवत आसताच आसता.

ह्या ग्रामदैवता कडेन गांवच्या लोकांचो लागिंचो तसो नित्याचो संबंद येता. गांवांतल्या लोकांच्या प्रत्येक ल्हान-व्हड सणा-परबेक आनी हेर धार्मीक कार्यावळिंनी (बारसो, लग्न, मरण आदी) ग्रामदैवताक मानाची सुवात आसता. ताका तेलवात दाखोवप, विडो-पान दवरप, सोरो-रोंट दिवप, वाडी-पान दाखोवप जाता. ताका होरायल्याबगर गांवांतलें कसलें धार्मीक कार्य पुराय जायना.

गांवांतल्या लोकांचें वेगळें कुलदैवत आसलें, आनी ते ताका नेमान भजता आसले, तरी तांचे खातीर ग्रामदैवताचें एक आगळें म्हत्व आसता. कुलदैवत हें खुबदां गांवापासून पयस आशिल्ल्यान दिसपट्ट्या कार्या खातीर कुलदैवता कडेन वचप शक्य नासता. ती गरज गांवांतल्या गावांत आशिल्लें ग्रामदैवत भागयता. गांवांची थापणूक करच्या वेळार गांवचो थळावो राखणदार म्हणून गांवां वांगडा ग्रामदेवाचीय थापणूक जाल्ली आसता. गांव वसोवपी मूळ, थळावो देव आनी उपरांत वसयिल्ल्या गांवांची राखण करपी राखणदेव म्हणूनय ग्रामदेवाक एक म्हत्व प्राप्त जाता. कुलदेवाची उपासना करपाची थारावीक मांडावळ आसता. ती करपाक मध्यस्थी पुरोयताची गरज लागता. ग्रामदैवताची उपासना सादे पद्दतिची जाल्ल्यान ती खंयच्या मध्यस्था बगर आपले आपणूच करपाची सुविदा आसता. ग्रामदेव आनी लोक हांचे मदले ह्या लागशीरपणांतल्यान आपलेपण निर्माण जाता जाल्ल्यान गांवांत ग्रामदेवाचें अप्रुप उरता.

ग्रामदेव ही संकल्पना, गांवचो राखणदार हे देवाचे सर्वसादारण संकल्पनेक धरून आसा. मनीस कुळयेची भटकी अवस्था सोंपून, राबित्याची अवस्था आयली तेन्ना ग्रामदेवाची ह्या राबित्यांत थापणूक जाली आसूं येता. ग्रामदैवतां हीं आदल्या काळांत चडशीं निराकारी म्हणजे निखटो फातर वा फातरी पाटी, फातरी वा लांकडी खांब, बसका, कलश अशा प्रतिकांनी आसलीं. ल्हव ल्हव करून ह्या प्रतिकांचे सुवातेर मुर्ती बसोवप जालें. उक्त्या आशिल्ल्यां हातुंतल्या कांय देवांक आदीं ल्हानशी घुमटी, मागीर देवळी आनी कालांतरान देवूळ बांदपाची वेवस्था जाली.

मुळचे कांय ग्रामदेव कालांतरान कांय जाणांचे कुळदेव, इश्टदेव, भजक देव जाले. मुळांत आदीवासींचे आशिल्ले कांय ग्रामदेव उपरांत सवर्ण लोकांचे ग्रामदेव कुळदेव जाले. महाराष्ट्रांतल्या जेजुरीचो खंडोबा आनी तमीळनाडुंतल्या मदुराईची मिनाक्षी जीं आयज सगळ्या जातींची तिर्थथळां जाल्यात, ती सुरवेक आदीवासी लोकांचीं दैवतां आसलीं. आयज सगळ्यां जातींचे जाल्लो गणपती, एका काळार आदीवासी लोकांचे ग्रामदेव आसलो.

ग्रामदैवतांमदीं चडशीं स्त्री दैवतां मेळटात. भगवती भ्रदकाली, सांतेरी, भुमिका, जारवाई, जोखाई, रेणुका सटी, खुटी अशीं तांचीं नांवां आसात. पुरूसदैवतांमदीं वेताळ, म्हारू, सांखळ्यो, म्हारींगण, सिद्ध, निरंकारी आसात.

लागीं लागीं सगळींच ग्रामदैवतां हीं तामसी वृत्तीचीं आसून तांची उपासना ही तांचे भक्तीपरस तांचे कडसून जावं येता त्या विघ्नांच्या भया खातीर चड जाता. भोवतेक ग्रामदेवतांक कोंबे, बोकडे, रेडे हांचो बळी दिवपाची चाल आसली. आतां ती सामकी उणी जाल्या. खूब आदीं ग्रामदैवतांक नरबळी दिवपाची प्रथा आसली. तेभायर रगतान भिजिल्लें शीत (चोरू) सोरो, भांग, गांजो, विडी अशें पदार्थ तांकां दिवप जाता. आयच्या काळांत जनावरांचो बळी दिवपाची चाल उणी जाल्या आसली तरी हेर पदार्थ दिवपाची प्रथा चलता.

**-डॉ. अनंत राम भट**

**-सं.**

**ग्रामोफोन :** पोन्ने पद्दतिचें, रिकॉर्डी वयलीं पदां, गितां वाजोवपाचें यंत्र.

**इतिहास :** लिऑन स्कॉट हाणें 1857 वर्सा



फोनोनॉटोग्राफ' नांवाचें कंपनीचें अभिलेखन करपी एक यंत्र सोदून काडलें. ध्वनीच्या कंपनांचें अभिलेखन करून ताचे पसून परत ध्वनीची निर्मिती करपाचें तंत्र मात टॉमस एडिसन हाणें 1877 त सोदून काडलें. ताणे ह्या यंत्राक 'फोनोग्राफ' अशें नांव दिल्लें आनी ह्या यंत्राचें नोव्हेंबर 1887 त ताणें एकस्व (पेटंट) मेळयलें. ह्या यंत्रांत दंडगोलाच्या अक्षाक जोडिल्ली मूठ हातान घुवंडावन ताका गती दिताले. ॲलेक्झांडर ग्रॅहॅम बेल हाणें ह्या यंत्रांत सुदारणा करून दंडगोलाच्या पृश्टभागार कथिलाच्या नव्या जाग्यार मेणाचो थर वापरलो. ह्या सुदारणेक लागून चड बरे रितीन ध्वनीची पुनर्निर्मिती जावपाक लागली. ह्या सुदारीत यंत्राक 'ग्रामोफोन' अशे नांव दिलें आनी ताचें उत्पादन करपा खातीर 1887 वर्सा एक कंपनी स्थापीत जाली. फुडें हें यंत्र तयार करपाचें काम कोलंबिया फोनोग्राफ कंपनीन सुरू केलें.

तबकडिच्या सपाटाक लागून ठशे उठोवन प्रती काडपाची एमील बर्लिनर हाचे पद्दतीन तंत्रांत चड सोपेंपण आयलें. तशेंच मुद्रिकेचेर घळ, अम्लाच्या प्रक्रियेन जाय तितकीच खोल करप शक्य जाल्ल्यान ध्वनीच्या पुननिर्मिती खातीर सूय सुरवातीपासून निमाणे मेरेन घळींतल्यान आपशींच मुखार सरत वचपी अशी वेवस्था यंत्रांत करप शक्य जालें आनी यंत्राची रचना सोपी जाली. बर्लिनर हाणें आपल्या यंत्राक 'ग्रामोफोन' हें नांव दिलें. ह्या यंत्राच्या उत्पादनाक ल्हान प्रमाणार 1894 वर्सा सुरवात जाली.

बर्लिनर हाच्या यंत्रांतूय मुद्रिका घुवंडापा खातीर हातानूच घुवंडावन मुद्रिकेक गती दिवप जातालें. वेव्हारापयोगी ध्वनिपुननिर्मितीच्या नदरेंतल्यान हें खुबूच असमादानकारक आनी गैरसोयीचें आशिल्लें. मुद्रिकेक गती दिवपा खातीर घडयाळ्या सारक्या स्प्रिगांनी चलपी यंत्रणेची गरज आनी थारावीक गतीन मुद्रिका घुवंडायत दवरपाची गरज बर्लिनर हाच्या लक्षांत आयली. अमेरिकेंतलो कॅमडेन हांगा एल्ड्रिज जॉन्सन हाणें स्प्रिगींचेर चलपी चलित्र (मोटर) आनी घर्शणान अंतर्भाव आशिल्लें यंत्र रोकडेंच सोदून काडलें. जॉन्सन हाणें बर्लिनर हाच्या यंत्रांत आनिकूय खूब सुदारणा केल्यो आनी चड कार्यक्षम 'ध्वनि-पेटिका' तयार केली.

ह्या सुदारीत यंत्रापासून मेळपी पुननिर्मीत ध्वनी वांगडा बरोच 'खरखर' वा 'बोवाळ' निर्माण जातालो. हो खरखर कमी करपा खातीर जॉन्सन हाणें मेणाच्या तबकडीचेर पयली सुयेन ध्वनिमुद्रण करून आनी ह्या मेणाच्या तबकडीचेर ग्रॅफाइटाच्या कणांचो फावारो उडोवन मुद्रिकेचो पृश्ठभाग विद्युत संवाहक तयार करपाची कल्पना काडली.

हे मुद्रिकेचेर विद्युत विलेपन करून घटमूट व्यस्त मुद्रिका तयार करप आनी तिचेपसून अश्मामृद् प्लास्टीक द्रव्याच्या तबकड्यांचेर ठशे उठोवन मुद्रिकेच्यो अनेक प्रती काडपाचें आदलेंच तंत्र ताणें वापरलें. मुळचें ध्वनिमुद्रण जस्ताच्या तबकडिचेर करपाचें साडून तें मेणाच्या तबकडिचेर केल्ल्यान 'खरखर' कार्यक्षम कमी जालो.

**ग्रामोफोनाचे घटक भाग :**

1) थारावीक वेगान घुंवपी चलित्र (मोटर),

2) चलित्राच्या उब्या दांडयेर बसयिल्लें जडचक्र,

3) मुद्रिकेच्या घळींतल्यान घुंवपी सूय,

4) ध्वनि - पेटिका आनी

5) ध्वनि - पेटिकेक जोडलेलो कर्णोअशे सर्वसामान्य ग्रामोफोनाचे घटक भाग आसतात.

1900 मेरेन ग्रामोफोनाचो प्रसार अनेक पाश्चात्य देशांतल्या घरांघरांनी जालो. ह्या उपरांतच्या काळांत 'एडिसन' आनी 'कोलंबिया' ह्या कंपनीच्यो दंडगोलाकृती ध्वनिमुद्रिका आशिल्लीं यंत्रां आनी तबकडिसारक्यो ध्वनिमुद्रिका आशिल्लीं 'व्हिक्टर', 'कोलंबिया' आनी 'ग्रामोफोन' ह्या कंपनींची यंत्रा बाजारांत आयलीं. 1913 वर्सा एडीसन कंपनीनूय तबकडिसारक्या आकाराची ध्वनिमुद्रिका आनी त्यो घुवंडापा खातीर जाय आशिल्लीं यंत्रां तयार करपाक सुरवात करून दंडगोलाकृती मुद्रिकांचीं यंत्रां तयार करपाची बंद केलीं. पूण आदलीं यंत्रां जाचे कडेन आशिल्ली तांच्या उपेगा खातीर दंडगोलाकृती ध्वनिमुद्रिका तयार करपाचें काम एडिसन कंपनीन 1929 मेरेन चालूच दवरलें. ल्हवल्हव ग्रामोफोनाचो प्रसार भारतांतूय जालो.

**कोंकणी ग्रामोफोन रिकॉर्ड :** कांताराच्या इतिहासाचेर उजवाड घालून केल्ल्या ताच्या सोद वावरा प्रमाण पयलें कांतार 1908 वर्सा रिकॉर्ड जाल्लें. ह्या काळार ग्रामोफोन प्लॅअर भोव थोड्या लोकां कडेन आसताले. ग्रामोफोन रिकॉर्डी भोव थोड्योच विक्रेक येताल्यो. असल्या काळार जुवांव आगुस्तीन फेर्नांडीस हाणें धाडस करून आपलें कांतार रिकॉर्ड केलें. 'मिरमिऱ्यांचो मोग' हें कांतार ताणें सोफिया हे आपले धुवे सांगातान 1910 वर्सा रिकॉर्ड केल्लें. 'गोंयच्यो जाती' आनी 'गुपीत मोग' हीं दोन कांतारां ताणें आपले धुवे आनी टॉनी ह्या आपल्या पुता सांगाता काडलीं. ताचे फाटल्यान जायत्या कांतारिश्टांनी आपआपल्यो रिकॉर्डी काडल्यो. क्रूझ नरोन्हा, मिंगेल रॉड, आलेक्सिनो दे कांदोळी, कीट बॉक्सर, उपयोगिनो डिमेलो, यंग मिनेझीस, कामत दी असोल्णा, सी आल्वारीस, आल्फ्रेड रोज आनी हेर कांतारिश्टांनी आपलीं कांतारां ग्रामोफोन रिकॉर्डाचेर रिकॉर्ड करून लोकांमदीं पावयलीं.

आल्फ्रेड रोज हाणें चडशो ग्रामोफोन रिकॉर्डी काडल्यो आनी त्यो आख्ख्या संवसारांत जंय गोंयकार आसात थंय पावयल्यो. जेन्ना कॅसेट प्लॅअर आयले तेन्ना आल्फ्रेड रोज हाणें आपलें पयलें कांतार कॅसेटीचेर काडून खपयलें. जांचे कडेन ग्रामोफोन प्लॅअर नाशिल्ले तांकां हीं कांतारां आकाशवाणी वयल्यान आयकूंक मेळ्ळीं.

ख्रीस्त पेरी ह्या संगीतकारान हिंदी संगीत मळावयल्या गायकांक घेवन कांतारांच्यो रिकार्डी तयार केल्यो. तातूंत महम्मद रफी, शैलेंद्र सिंग, उषा अय्यर (उत्तुप) हांचो मुखेलपणान आसपाव जाता. दक्षिणेक मंगळूरच्या जॅरोम डिसौजा, विल्फी रेबिम्बस, लॉर्ड कुलासो सारकिल्या संगीतकारांनी कांतारां रिकॉर्ड केलीं.

ग्रामोफोन रिकॉर्डीची फुडली अवस्था म्हणजे प्लॅस्टीक रीळ कॅसेट. (ध्वनीफीत) सी. डी. आनी डी व्ही डी. सद्याक रिकॉर्डीआनी कॅसेटी फाटीं पडून सीडी आनी डीव्हीडी वयलें संगीत आनी गद्य सीडी - डीव्हीडी प्लॅयरा वरवीं आयकुपाची सोय जाल्या.

आयच्या संगणक युगांत तरेकवार वेबसाईटी उपलब्ध आसात. ह्या वेबसाईटीचेर वचून तरेकवार कार्यावळी डावनलोड करून आयकूंक मेळटा. सीडी आनी डीव्हीडी भायर 'पेनड्रायव्ह' हेंय एक साधन आयिल्ल्यान तातूंतय जाय तितलीं पदां घालूंक मेळटात. मोबायल फोनाचेर संगीताचो सांठो करून जाय तेन्ना संगीत आयकुपाची आतां सोय जाल्या.

आयज आधुनीकरणाक लागून नवीं नवीं यंत्रां येत आसात. आनी ल्हव ल्हव पोन्नीं यंत्रां फाटीं पडपाक लागल्यां. आयज ग्रामोफोन फकत वास्तुसंगहालयांत वा घरांत एक सोबेची वस्त कशी पळोवंक मेळटा. हालीं पर्थून, एक आगळे तरेची संगीत - श्रवण सुविदा म्हणून,

मफोन रिकॉर्डीवयलें संगीत आयकुपाचीं अवस्था ायल्या.

- सं.

**गाराणें :** देवाचे उपासने संबंधीत देवाक केल्ली प्रार्थना. हें गाराणें, उपासनेचे समाप्ते ळार करता आनी तें जाल्या उपरांत उपासनेची सांगता ाता. दर एके उपासने फाटल्यान उपासना करतल्याची सली ना कसली मनोकामना आसता. ती मनोकामना र्ण करपाक जी देवामुखार मागणी करतात ती ाराण्याच्या रूपांत आसता. हें गाराणें चडशें पुरोयत ालता. पूण ल्हान ल्हान उपासनेंत पुजा करपी मनीस वा रांतलो जेश्ट-जाण्टो मनीस गारणें घालता. कोंकणांत ळशी-लग्नांत, चवथीक गाराणें घालपाची खाशेली ार्यावळ आसता.

गावांचेर कसलेंय अरिश्ट आयलें तर तें परतून ावपाक गांवांतले लोक ग्रामदेवा मुखार सामुदायीक ारणें घालता. गांवांत जेन्ना कोणाचेर अवसर (भार) ाडचो आसता, तेन्नाय देवाक सामुदायीक गाराणें ालतात. गोंयांत गणपती विसर्जना वेळार गांवांतल्या गळ्यां गणपतींमुखार सामुदायीक गाराणें घालतात. ह्या ाराण्यांत गांवच्या लोकां वतीन गाराणे घालपी मनीस ोकांच्यो इत्सा (भलायकी, नोकरी, लग्न, भुरगें) णपतीक सांगता आनी त्यो पुराय जातकच देवाक फुडले वथीक पंचखाद्य (10 ते 100 नाल्लांची) दिवपाची ांगवण करता.

गाराणें हें सर्वसामान्यपणान मागणें रूपांतली प्रार्थना शी आसता तरीय कांय वेळा ती निखटी प्रार्थना आसना र तिका कागाळिचें रूप प्राप्त जाल्लें दिसता. आदल्या ाळांत गांवांत चोरी-मारी जाली वा कांय असामाजीक - अनैतीक घडणूक घडली तर तिच्या कर्त्याचो सोद लावन देवपाक वा ताका परस्पर ख्यास्त दिवपाक देवाक ाराण्याच्या रूपान होरावणी करताले. ही एके तरेची ुन्यांवकारा आड देवा कडेन केल्ली कागाळ आसताली. ही प्रथा आयजय जायते कडेन चलता.

गाराणें हें उतर गर्हणम् ह्या संस्कृत उतरा वयल्यान आयलां. ह्या उतराच्या अर्थामदीं निंदा, चाडी, दुर्वचन हीं उतरां मेळटात. ह्यां उतरांक कागाळ हें उतर लागीं जाता.

वर्सुकी पुजा, व्रता वेळार घालतात त्या गाराण्याची एक पत अशी आसता :

देवा समर्था (देवाचे नांव) देवा (हय सायबा) वर्सपद्दतीप्रमाण तुजी ही सेवा (पुजा) केल्ली आसा (हय सायबा), ती तुवेन मानून घेवंची (हय सायबा), कितें चुकलां माकलां आसत, दावे उजवें जालां आसत, तर मानून घेवंचें देवा (हय सायबा), घरांतल्यां सगळ्यांक बरी भलायकी, बरे शिक्षण, नोकरी वेवसाय, पयसो अडको प्राप्त करून दिवंचो (हय सायबा), भायली भितरली नड-पिडा, करणी-जादू ना करून (हय सायबा), सगळ्यांक सुख-शांती -समृद्धी हाडची (हय सायबा)

आनी फुडल्या वर्सा -
हाचेपरस चड उमेदीन तुजी सेवा (पुजा)
करून घेवंची (हय सायबा)

गाराणें घालपी मनशान, गाराण्याच्यो एक दोन वळी म्हणटकच बाकिच्यांनी एका वांगडा (कोरसान) ‘हय सायबा’ म्हणचें आसता. अशें म्हणून ते गाराणें घालप्या कडेन सहमत जाता.

गाराणें घालतांना, गाराणें घालपी आनी हेर लोक हातांत अक्षता घेवन उबे रावतात. गाराणें सोंपल्या उपरांत सगळेजाण हातांतल्यो अक्षता देवाक ओंपतात.

- सं.

**गार्राफांव : पळयात → कारवो**

**गारूडी :** धंद्यावेल्यान तयार जाल्ली एक जात. गारूड्यांक मेडिसर आनी मदारी अशींय नांवां आसात. मदारी हें मुसलमान जातीचे आसतात. ते चवदाव्या शेंकड्यांत बांटून मुसलमान जाले



अशें म्हणटात. बाटिल्ले मुसलमान फकत 'सुंता' करून घेवपाचें सोडल्यार हेर कसलेय इस्लामी आचार पाळिनात. गारूडी चड करून महाराष्ट्र आनी गुजरातांत दिसतात.

सोरपांचे खेळ करून दाखोवप हो तांचो उपजिविकेचो धंदो. सोरपांचे खेळ करतना ते पुंगी ह्या वाद्याचो उपेग करतात. ह्या वेवसायाचें शिकप दिवपी एक शाळा दिल्ली लागसार मोलाडबंग नांवाच्या एका गांवांत आसा. हो वेवसाय बरोच पोरनो आसा, अशें गरूड पुराणांत आनी जातकांत आयिल्ल्या उल्लेखावेल्यान दिसून येता. हिंदू गारूडी हे भावानीचे उपासक जावन आसात.

- **सं. मं.**

**पुरक नोंद : नागपंचम**

**गार्सिया दा ओर्ता :** (जल्म : 1490, स्पेन, मरण : 1580 गोंय)

भारतीय वनस्पतिंचो अभ्यास केल्लो वनस्पतीशास्त्रज्ञ. ताचो जल्म किरीस्तांव धर्म पत्करिल्ल्या स्पॅनिश ज्यू कुटुंबात जालो. नव्यान किरीस्तांव जाल्ल्या ह्या कुटुंबाचे स्पेनांत खूप हाल जाले. फुडाराक व्हड पुर्तुगेज सरादाराचो आसरो मेळिल्ल्यान ताचें मुळावें शिकप पुराय जालें. उपरांत ताणें लिस्बनाक आपलें वैजकी पदवीचें शिकप पुराय केलें. ताका स्पॅनिश, अरेबिक, पर्शियन आनी हेर भासो येताल्यो.

लिस्बन हांगांच ताणें दोन वर्सां वैजकी म्हाविद्यालयां अध्यापकाचें काम केलें. पुर्तुगेज वसाहतिचो नौदल प्रमुख मार्टीन आफांसो डिसोझा हाची भारतांत नेमणूक जाली ताणें गार्सियाक आपलो वैजकी सल्लागार म्हण भारतां येवपाची मागणी केली. गार्सियान अध्यापनाचें काम सोडून भारतांत येवपाचें मान्य केलें.

भारतांत आयल्या उपरांत खंबायत, गुजरात, कोची श्रीलंका हांगाच्या पुर्तुगेजांनी केल्ल्या वेगवेगळ्या झुजां ताणें वाटो घेतलो.

ताणें अरबी, गुजराती, कोंकणी लोक जेवणांत आनी वखदांत वापरपी वनस्पतिंची वळख करून घेतली. प्रत्येक वनस्पतिचो उपेग कितें हाची खात्री करून ताणें निश्कर्श काडलो.

पुर्तुगीज राजकीय घडामोडींत ताची कांय राजांकडेनू वळख जाली. ताणें अहमदनगराच्या बेहराम निजामशहाक तशेंच हेर सरदारांक आपल्या वखदान बं केले.

इ. स. 1545 ह्या वर्सा ताणें पुर्तुगिजांच्या आदारा मुंबय बेटाचेर जमीन घेतली. हांगा घर बांदून खूब वखद वनस्पती, फळां, फुलांचो बगिचो तयार केलो. ताक मुंबयंत आशिल्ल्या लागवडी आनी रानवटी वनस्पतिंचे



ायती आसली. आयुर्वेदांत आशिल्ल्या वनस्पतीविशीं णें विद्वान, ब्राह्मण, अणभवी वैजां कडल्यान नाडी रक्षा आनी वखदी वनस्पतिच्या उपेगांचो प्रत्यक्ष णभव घेतलो.

मुंबयचेर डच लोकांनी घुरी घातली तेन्ना ताच्या बागेचें ब लुकसाण जालें. ब्रिटिश लोकांनी ताच्या उद्यानाचो ध्वंस केलो. हाका लागून तो गोंयांत स्थलांतरीत ालो.

गार्मिया दा ओर्ता हो पयलो युरोपी अभ्यासक जाणें ारतीय वनस्पतिचें संकलन करून शास्त्रीय पद्धतीन ताचो योगीक अभ्यास केलो.

पंचवीस वर्सां परस चड काळ ताणें गोंय-मुंबय ीसरांत सारलो. ह्या वाठारांतल्या वनस्पतींचेर ताणें तशीर अभ्यास केलो. ताच्या वावराचें यादस्तीक णून पणजी (गोंय) महानगरपालिकेचे एके बागेक ताचें ांव दिलां.

- सं.

**ावसकर सुनील मनोहर** : (जल्म : 17 जुलय 1949, मुंबय महाराष्ट्र).

ताचें मुळावें आनी शालेय शिकप मुंबयच्या सेंट व्हियर हायस्कूलांत जालें. त्याच कॉलेजीत बी. ए. रेनचें ताचें शिकप जालें.

ल्हानपणासांवन ताका क्रिकेट खेळपाची आवड ासली. माधव मंत्री ह्या ताच्या मामान ताका ह्या खेळांत ार्गदर्शन केलें. शाळेंत आसतना आनी उपरांत हाविद्यालयांत, विश्व विद्यालयांत ताणें क्रिकेट खेळून ामना जोडली. मुंबयंत रणजी ट्रॉफींत तो खेळ्ळो आनी ारताच्या क्रिकेट संघांत वयाच्या 19 व्या वर्सा ताणे दार्पण केलें.

वेस्ट इंडिजच्या पयल्याच दौऱ्यांत ताणें चार ामन्यांत चार शतकां करून आपलें पदार्पण गाजयलें. 1987 वर्सा वर्ल्ड कप सामन्यात ताणें नागपुरात शंसनीय अशें शतक करून त्याच वर्सा ऑगस्ट



म्हयन्यांत लॉर्डस मैदानाचेर 180 धावो काडून आपली निवृत्ती जाहीर केली.

ताचें खाशेलेंपण म्हणजे पाच दिसांच्या कसोटी सामन्यात आनी एका दिसाच्या सामन्यात दोनूय कडेन ताणें आपल्या खेळाच्या तंत्राचें कसब दाखयलें.

भारतीय संघाचो कप्तानय तो जालो. ताच्या फुडारपणाखाला भारतीय संघान वेस्ट इंडिज आनी इंग्लंडाचेर जैत जोडलें. तशेंच 1984 -85 त ऑस्ट्रेलियांत जाल्ल्या 'बेन्सन अँड हेजेस' ह्या वर्ल्डकपाच्या धर्तेर आंतरराष्ट्रीय सर्तींत भारताक यश जोडून दिलें. 326 धांवड्यो काडून आंतर विद्यापीठ सर्तींत तीन शेंकडे मारले. कसोटी क्रिकेट खेळपी दरेका देशा आड खेळटाना शेंकडे मारपाचो मान ताणें जोडलो.

भारताच्या कसोटी सामन्याच्या इतिहासांत धांवो काडपाचो उच्चांक करपाचो मान ताका फाव जाला. कसोटिच्या एका डावांत 200 धांवड्यो काडल्यो अशी ताच्या नांवार नोंद आसा. तीन कसोटी सामन्यात ताणें सलगतायेन ऑस्ट्रेलिया आड तीन शेंकडे मारले. दरेका हंगामांत चडांत चड शतकी भागिदाऱ्यो आनी हजारा वयर धांवड्यो ताणें काडल्यो. पयलीं खेळूंक वचून निमणे मेरेन

बाद जायनासतांना तो उरला. ताच्या नांवार अशे कितलेशेच पराक्रम नोंद जाल्ले आसात.

क्रिकेट खेळा भायर ताका चित्रपट साहित्य आनी संगीत हांचीय आवड आसा. 'सनी डेज' आनी 'आयडॉल्स' हीं ताणें बरयल्लीं पुस्तकां खूब गाजल्यांत. 'सनीज स्पोर्टस बटीक' हो उद्देग ताणें खेळाची आवड आशिल्ल्या भुरग्यां खातीर मुंबय सुरू केलो आनी ताच्यो हेर कडेन शाखा उक्त्यो केल्यो.

ताणे निवृत्त जाल्या उपरांत क्रिकेटीचेर समीक्षणात्मक लेखन करून दुरदर्शनाचेर दौऱ्यांचे तोखणायेचें समालोचन केलां.

ताच्या नांवार 125 कसोटी सामने, 10122 धांवड्यो, सर्वोच्च 238 धांवड्यो, 34 शेंकडे आनी 45 अर्दशेंकडे आसात.

भारत सरकारचो क्रिकेट कामगिरी खातीर ''अर्जुन पुरस्कार'' (1977), ''पद्मभूषण'' (1980), तेचपरी ''महाराष्ट्रभूषण'', ''विस्डेन'' क्रिकेटर ऑफ द ईयर (1980) अशे भोवमान ताका मेळ्ळ्यात. कांय विद्यापीठांनी मानद 'डॉक्टरेट' दिवन ताचो भोवमान केला.

**गाळ : (अपशब्द) :** असंस्कृत, पोजडें उतर, अपशब्द. संवसारांतल्या सगळ्यां मौखीक आनी लिखीत भासांनी गाळी आसात. लिखीत भाशे परस मौखीक भाशेंत गाळी चड आसात.

भाशेंत गाळी कशो आनी केन्ना रिगल्यो हें सांगप कठीण आसा. केन्ना तरी भाशेंत रिगिल्ल्यो ह्यो गाळी आयजय संस्कृत -असंस्कृत लोकांचे जिबेर घोळटात आनी लेखनांत झळकतात. लेखनांतल्या गाळींतलें बुरशेंपण, जिबेवयल्या गाळींतल्या बुरशेपणापरस उणें आसता.

राग, तिडक येता तेन्ना उलयतल्याच्या उलोवपांत गाळिंचें प्रमाण चड आसता. हाचे वयल्यान गाळिंचो आनी तिडकिचो संबंद आसपाची शक्यताय आसा. जितकी तिडक खर तितकी गाळिची खरसाण चड अशें प्रमाण आसता. हाका लागून गाळीं फाटल्यान दे मनोविज्ञानीक कारणां दिसतात. मनशाक तिडक मार की ताची विवेकबुद्ध उणी जाता. ताचें वांगप, उलो असंस्कृत जाता. ताची भास पोजडी जाता. हें एक कार दुसरें कारण म्हणजे गाळींतल्यान मनीस आप तिडकल्लें मन साफ करता. चरचरीत गाळी सवल्यो ताच्या जिवाक सू (बरें) जाता. दुर्बळ लोक, आप दुर्बळकायेक लागून आपल्या दुस्मानाक ख्यास्त करू शकना, तेन्ना ताचो भितरल्या भितर घुस्मटमार जात आपल्या दुस्मानाक गाळी घालून तो आपल घुस्मटमाराक वाट करून दिता. अशा मनशाक गाळी ए प्रकारचें मानसीक समादान दिता. गाळी सवप नासलें एक तर तिडकल्लो मनीस हिंसक जावं येतालो असहायतेन निर्शेवन वतलो आसलो.

कांय गाळी अपुरबायेच्यो आसतात. चड करून ल्ह भुरग्याची अपुरबाय अशा गाळिंनी करतात. मस्त भुरग्याक चोर, फटींग, काळ अशां गाळिंच्या उतरां पाचारप जाता. पूण थंय मूळ उतरांतल्या गाळिंच्या अथ तीं लायनात. श्रीकृष्णाक असोच अपुरबायेन गोळकु चोर म्हणटात.

कोणाक गाळी सवप हें बेकायदेशीर जाल्ल्यान गा सवतल्याक ख्यास्त करपाची कायद्यांत तजवीज आसा.

साहित्त्यांत गाळिंचे सुवातेर फुली (x) मारू गाळिफाटलो भाव परगटायता.

- स

**गिटार :** विद्युत ध्वनिवर्धक लावन वाजोवपा एक साथी वाद्य. हें पश्चिमी तंतुवा ल्यूट प्रकारांतलें मेंडोलीनपसून आयलां, अशें म्हणूं येत फरक इतलोच की हाचो फाटलो भाग सपाट आसता. पळोवंक व्हायोलीन वाद्याप्रमाण दिसता. सध्या प्रचली आशिल्ल्या गिटाराक स तारो आसतात. ह्या तारांचे दाव्या हाताची बोटां दवरून, उजव्या हाताच्या बोटां



ाजत घेवन हें वाद्य वाजोवचें पडटा.

स्पेनांत ह्या वाद्याचो उगम जालो. 1830 वर्सा हाचो सार जायत गेलो. शास्त्रीय संगीता खातीर गिटाराचो ासस्वी वापर करपाचें श्रेय फान्सिस्को सोर आनी तरेगा ांकां वता.

विसाव्या शेंकड्यांत सेगोविआ ह्या कलावंतान ह्या ााद्याचो प्रवेश संगीताच्या सभाघरांत करून दिलो अनी ांगीत रचनाकारय ह्या वाद्या खातीर रचना करूंक नागिल्ल्यान ह्या वाद्याक पुनर्जिवीत मेळ्ळें.

ज्यूलिअन ब्रीम, जॉन विल्यम्स, कार्लोस मॉंतोया, ख्रिस्तोफर पार्केनिंग हांकां लागून आयज ह्या वाद्याचो ाजोंवाडिल्लो आसा. जॅझ संगीतांत कुशळ गिटारवादक ्हणून चार्ली ख्रिश्चन, जांगो राईनहार्ट, चार्ली बर्ड,वेस मंगमरी हांचो उल्लेख करूं येता.



कोंकणांत ह्या वाद्याचो वापर चडसो ख्रिश्चन समाजांत जाता. पश्चिमी संगिताचे धर्तेर, ख्रिश्चन संगीत कार्यावळिंनी एक साथी वाद्य म्हणून गिटार वादकाची उपस्थिती गरजेची जाता. गायन वा वादनाच्या कार्यावळिंनी जो वादन मेळ (बँड) लागता तातूंत गिटार मुखेल वाद्यांमदलें एक वाद्य आसता.

**- सं. मं.**

**गिनी : (उरउळी)** : सदचे वापरा खातीर तेल दवरपाचें ल्हान आयदन. आंगाक तेल लावंक आनी विशेश करून कानांत तेल घालूंक सोंपेपणान जावंचे म्हणून नळी आशिल्लें खाशेल्या आकाराचें (उदक शिंपपाचे झारी सारकें)



वाटकुळें आयदन. पयलीं तें पितळी धातुचें करताले. आतां सर्रासपणान स्टिलाचें करतात. ह्या आयदनाच्या तोंडाक धांपणे आसता. तळा कडेन बारीक नळी बसोवन नळयेच्या सकयल्या तोंडातल्यान गिनयेंतलें नळये भितर सरिल्लें तेल, नळयेच्या वयल्या उक्त्या तोंडातल्यान,

जाय तितकेंच भायर सरपाचीं वेवस्था आसता. बाटलेंत वा हेर कसल्याय मोट्या तोंडाच्या आयदनांतल्या तेलाचेर जाय तशें नियंत्रण उरना. पूण नळी बसयल्ल्या गिनींतलें तेल घेताना ताचेर जाय तशें नियंत्रण दवरूंक मेळटा आशिल्ल्यान अशा वापरा खातीर गिनिचो सर्रास वापर जाता. कानांत तेल घालपा वेळार गिनिचें नळयेचें तोंड कानांत घालप सोंपें जाल्ल्यान तेलाचो इबाड जायनासतांना अनी तेलाचो चड - उणो वापर करिनासतांना ज्युस्ताक ज्युस्त तेल घालप जाता.

शिलायेचें मशीन, सायकलिचें मशीन, पंखे, दाराचे जोडे ह्या खातीरय थंयचें घर्शण सुरळीत जावचें म्हणून घर्शणाचे सुवातेर तेल घालपाची गिनी आसता. मशिनाचे सोयी खातीर गिनयेची तेल गळपाची नळी ही गिनयेच्या तोंडा कडेन बसयल्ली आसता आनी गिनयेचें आंग दामून तेल भायर काडपाचें आल्लिल्ल्यान तिचें आंग लवचीक आसता. ते खातीर आतां असल्यो गिनयो चडश्यो प्लास्टिकाच्यो करतात.

- **सं.**

**गिब्ज हायस्कूल-कुमटा** : उत्तर कन्नड जिल्ल्यांतली एक आदर्श शिक्षण संस्था. 4 जून 1908 त स्थापन जाल्ली ही संस्था उत्तर कन्नड जिल्ल्यांतली, हायस्कुलाचें परिपूर्ण शिक्षण दिवपी, पयली खाजगी संस्था. कुमटा लागींच शिक्षणाची सोय जाली तर कुमटा परिसरांतल्या गरीब आनी मध्यम वर्गांतल्या भुरग्यांक सोंपेपणी शिक्षण मेळटलें ह्या उद्देशान रावसाहेब एन. एस. कामत, रावबहादूर पी. एन. पंडित, रावसाहेब रामचंद्र अण्णा पै, गोपाळ सुबय्या शानभाग आनी हेर शिक्षणप्रेमी, समाज धुरिणींनी ह्या हायस्कुलाची स्थापना केली. त्या काळांतलो ब्रिटीश कलेक्टर सर, एम. सी. गिब्ज हाणे हे शिक्षण संस्थे खातीर स्थायी स्वरूपाचें अनुदान दिलें. ताचें यादस्तीक म्हणून ह्या हायस्कुलाक गिब्ज हायस्कूल हें नांव दवरलें. कुमटा शाराच्या मध्यवर्ती सुवातेर आशिल्ल्या ह्या हायस्कुलांत सुसज्ज कामत विज्ञान प्रयोग शाळा आनी गिरेस्त वाचप-घर आसा. मण मैदान आनी महात्मा गांधी क्रिडांगण हीं हे संस्थेचीं भुश आसात. ह्या क्रिडांगणांत, कर्नाटक आनी महार राज्याच्या संयुक्त आयोजनाखाला 1969 त जाल्ल क्रिक्रेट खेळांत अजीत वाडेकर, चंदू बोर्डे, ब नाडकर्णी, प्रसन्ना, एस चंद्रशेखर सारक्या म्हालगड्यां वांटो घेतिल्लो.

शिर्सीचो दानी रावबहादूर पी. एन. पंडित हा विद्यार्थ्यांच्या राबित्याची सोय करपा खातीर पंडि हॉस्टेल ही इमारत बांदून दिली. गोंयचो उद्देजक वि धेंपो हाणें बांदिल्लें धेंपो हॉल हें सभाघर, हायस्कुल वांगडा कुमटा शारांतल्या लोकांची सांस्कृती कार्यावळी करपाची गरज भागयता. हे संस्थेच्या सुव महोत्सवाचो (1959), भारताचो तेन्नाचो राष्ट्रपती ड राजेंद्र बाबू प्रसाद अध्यक्ष आसलो. ह्या सुव महोत्सवाचें यादस्तीक म्हणून हे संस्थेन राजेंद्र प्रसा सभाभवनाची निर्मिती केली. हे संस्थेंत उपलब आशिल्ल्या अशा साधन सुविधांक लागून ही संस् म्हणजे कुमटा परिसरांतल्या लोकांचो सांस्कृती सामाजीक, शिक्षणीक, धार्मीक उपक्रमांचो केंद्रबिं जाला. 1958 त हांगा भारत सेवा दलाची उत्तर कन्न शाखा सुरू जावन सेवा दलाचे जिल्ला-थरी आनी राज्य थरी उपक्रम हांगा जाल्यात. अखील भारतीय कोंकण परिशदेचें 17 वें साहित्य संमेलन गिब्ज हायस्कुलाच्य संकुलांत 2005त जालें.

10 विद्यार्थी आनी 6 शिक्षकांक घेवन सुरू केल्ल्य ह्या हायस्कुलांत आयचे घडयेक सुमार 20 हजार विद्या 225 शिक्षक विद्यादानाचें काम करतात. ह्या हायस्कुलां काम करपी शिक्षक आनी शिक्षण घेवपी विद्यार्थी हां संवसारात नामना जोडल्या.

मुख्याध्यापक विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू (अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचो संस्थापक अध्यक्ष), शिक्षक माधव मंजुनाथ शानभाग (अखील भारतीय कोंकण परिशदेचो संस्थापक), मुख्याध्यापक मर्तू माधव पै, जे

. गावस्कर, के. जी. राव (राष्ट्रपती पुरस्कार प्राप्त क्षक), एस. वि. पंडित, वि. आर. कामत, बी. के. ळिगा अशा ध्येयवादी शिक्षकांनी हे संस्थेचे उदरगतींत पलें व्हड योगदान दिलें. ह्या हायस्कुलांत शिक्षण तिल्ले जायते विद्यार्थी, समाजांतल्या सगळ्या मळांचेर पलें आनी ह्या हायस्कुलाचें नांव आपले कर्तबगारीन जयत आसात. ह्या हायस्कुलाच्या शिक्षणदानाचे एक शेलेंपण म्हणजे दर वर्सा एस. एस. एल. सी. परिक्षेंत स्कुलाचे जायते विद्यार्थी वयले श्रेणींत पास जातात. क हायस्कूल (Rank Holders school) म्हण हे स्थेची तेखातीर नामना आसा.

हे संस्थेच्या आसऱ्याखाला सद्याक गिब्ज गर्ल्स यस्कूल (1960), महात्मा गांधी हायस्कूल 1966), गिब्ज नर्सरी आनी प्रायमरी शाळा (1997) नी गिब्ज इंग्लीश मिडियम हायस्कूल (2006) अशो च्यो विस्तारीत शाखा कार्यरत आसात.

**- ज्ञानदा शानभाग**

**गिरगिरें :** एक मनरिजवणेचें खेळणें. कोंड्याचे बडयेच्या एका तोंकार चार वा स कळ्यो दोडून वांटकुळया आकाराचें कागदाचें गिरगिरें ांदता. बडयेचें दुसरें तोंक मुठींत धरून गिरगिरें वावडून ा वाऱ्याच्या तोंडार धरून दवरतात. वारो भितर भरून वपाची पाकळ्यांची मांडणी केल्ली आशिल्ल्यान



पाकळ्यांनी वारो भरतकच वाऱ्याच्या नेटान पांकळ्यां सयत गिरगिरें बडयेर वांटकुळें घुंवूंक लागता. वारो भरून उरसर गिरगिरें घुंवत उरिल्ल्यान ताचें घुंवप मनरिजवण करता. पांकळ्यांचे सुवातेर कागदी वा प्लास्टीक पट्ट्यो एका सरयेच्या वांटकुळ्या कांकणाक तिरप्यो दसोवन तें कांकण बडयेच्या एका तोंकाक बांदतात. पट्ट्याचे तिरपणेक लागून तातूंत वारें भरून त्यो पट्ट्यो कांकणा सयत वांटकुळ्यो घुंवतात.

आदल्या काळांत जात्रा फेस्तांनी रंगीबेरंगी गिरगिरीं विक्रके येवप हे थंयचे एक खाशेलेंपण आसतालें आनी भोवतेक भुरगीं गिरगिरें घेतालीं. हालींसरा अशीं गिरगिरीं व्हड प्रमाणांत दिसना आसलीं तरी कांय कडेन जात्रा-फेस्तांनी ती आयजय पळोवंक मेळटात.

**- सं.**

**गिरबुजी : पळयात → चिमणी**

**गिरसप्पा (गेरसोप्पा) :** कर्नाटक राज्यांतलो, इरावती न्हंयच्या कांठा वयलो एक गांव. ह्या प्रदेशाक आदल्या कळातं नगिरे, क्षेमपूर, भल्लात किपूर, सुवर्णपुरी, नगर बस्तीकेरी ह्या नांवांनी वळखताले. हांगां हाडुवळ्ळी प्रदेशाच्या साळुव ह्या जैन राज्य घराण्याचो, तेराव्या शतमानासावन राजकारभार चलतालो. ह्या घराण्यांतल्या रामू नायक, हैव, भैरव आनी चेन्नभैरादेवी (1548-1599) हांणी हांगचो कारभार बरे तरेन चलोवन ह्या प्रदेशाक देशपरदेशांत नामना जोडून दिली.

चेन्नभैरादेवी ही हाडुवळ्ळीचो देवरस राजाली भाची आनी राणी भैरादेवीली भयण आसली. ती जशी पराक्रमी आसली तशी कलाप्रिय आसली. शिल्प, संगीत आनी साहित्यांत तिका आवड आसली. पुर्तुगिजांनी इबाडून उडयल्ल्या भटकळ बंदराच्या वाठाराची तिणें पुनर्बांधणी केली. तशेंच हांगाच्या जैनवस्तीचो तशेंच खेतप्पयल नारायण मंदिराचो जिर्णोद्धार केलो. हांगाची रत्नत्रप बस्ती

हिणे बांदली. तिचे कारकिर्दीत गिरसप्पांत मिया कण, याळ अशा मसाल्यांचो व्हड प्रमाणांत वेपार चलतालो. हाका लागून परदेशांत हिका काळे मिया कणची राणी म्हणून पाचारताले.

ह्या प्रदेशाक आदल्या काळांत कला, साहित्य, संगीताची व्हड परंपरा आसली. हांगा व्हड नामनेचे लेखक जावन गेल्यात. 'धन्यकुमार चरित' बरयल्लो आदीयप्प, 'साळव भारत' बरयल्लो साळव कणी, 'काव्यसार' चो कवी विमलानंद, हे जैन राजाच्या दरबारांतले, गिरसप्पाचे राजकवी आसले. गेरूसोप्पेसांतय्य हो ह्या प्रदेशांतलो यक्षगान कवी आसलो.

ह्या प्रदेशांत शिल्पकलेचे उत्तम नमुने पळोवंक मेळटात. हातूंत पार्श्वनाथ, नेमीनाथ, वर्धमान ह्या बस्तींचो आसपाव जाता. हातुंतली चारूय वटांनी पळयल्यार एकेच परीन दिसपी चतुर्मुख बस्ती आकर्शक आसा.आदिनाथ, अजितनाथ, सांभव, अभिनंदन हीं चारय जैन बिंबां हांगा मेळटात.

शरावती न्हंयचे देगेर आशिल्लें हनुमंत मंदीर तशेंच ज्वाला मालिनी ही प्रसिद्ध देवालयां हांगा आसात. हे न्हंयचे देगे वयल्या वाठारांत नाल्ल, सुपारी, केळीं, आंबे, ऊस हांची लागवड करतात. तशेंच न्हंयच्या उदकांत नुस्तें मारी जाता. शरावती ही ह्या प्रदेशाची जीवन दायिनी जाल्या. हे न्हंयचेर जग प्रसिद्द गिरसप्पा धबधबो आसा.

**- अरूण उभयकार**

**गिरसप्पा धबधबो (जोग) :** जगप्रसिद्द धबधवो (घसघसो). कर्नाटक राज्यांतल्या शरावती न्हय वयलो हो धबधबो गिरसप्पा गांवां सावन सुमार 19 कि. मि. चेर आसा. हांगा शरावती न्हयचे पात्राची रूंदाय सुमार 70 मीटर आसा. राजा, रोअरर, रॉकेट आनी लेडी अशा चार नांवांच्या धारांनी पडपी ह्या धबधब्याची उंचाय 253 मिटर आसा.



धबधब्याचे सुवाते सावन अडेज कि. मी. चेर 'जोग' गांव आसा आनी ह्या गांवांच्या नांवां वयल्यान धबधब्याक 'जोग धबधबो' अशेंय म्हणटात. हांगा ध बांदून शरावती न्हंयचें उदक आडावन तें सकय देंगणांत व्हरून थंय महात्मा गांधी जलविद्युत नांवा वीज प्रकल्पांत वीज निर्मिती करतात.

हो धबधबो पळोवपाक देश विदेशांतले पर्यटक व्ह प्रमाणात येतात. विशेश करून पावसाळ्यांत धबधब्याक व्हड नेट आसता. पर्यटकांचे सोयी खा हांगा पर्यटक वसतीघरां आनी खाणावळी आसात.

**- सं.**

**गीद (गिधाड) :** हो पक्षी ॲक्सिपि पक्षिकुलांतलो आ भारतांत ताच्यो 5-6 जाती मेळटात. तातूंत काळे आनी बंगाली गीद ह्यो दोन मुखेल आसून त्यो स कडेन दिश्टी पडटात. काळे गीद हिमालयांत 1,525 उंचायेचेर आनी बंगाली गीद 2,440 मी. उंचाये उडटा. काळे गीद बरेच मोटे आनी पळोवपाक रूबाब कशे आशिल्ल्यान तांकां 'गृधराज' अशें म्हणटात. शास्त्रीय नांव टॉरगॉस काल्व्हस आनी बंगाली गी



-.

जेप्स बेंगॉलेन्सिस अशें आसा.

काळो गीद म्हणल्यार गृधराजाचें शरीर. मोटेंच आनी ळव्या रंगाचें आसता. तकली, मान आनी पांय शेंदरी गाची आसून ताचेर पाखां नासतात. मांडयाच्या वयल्या ागाचेर प्रत्येकी एक व्हड असो धवो तिबो आसता. ानेच्या बुडाक धवो पट्टो, दोळे हळडुवे वा तांबूस पकिरी, मोटी चोंच, घटमूट, तोंका कडेन वाकडी आनी काळसर रंगाची आसता. नर आनी मादी पळोवंक एकाच ारके दिसतात. हे पक्षी एक एकटे आसतात.

मेल्ल्या जनावरांच्या मांसाचेर हे उपजिविका करतात. ्रा पक्ष्याच्या घरट्यांचें विणकाम डिसेंबरपसून एप्रील रेन आसता. हें घरटें बरेच मोटें आनी झाडाचेर मनीपसून 9-12 मी. उंचायेर आसता. मादी दर खेपे धव्या रंगाचें एकूच तातीं घालता.

बंगाली गीद हे गृधराजा परस ल्हान आकाराचे आसता. ताचो वयलो भाग मळकट काळसर तपकिरी आसून फाटीर शेपटेच्या बुडा मुखार रूंद धवो पट्टो, ाती आनी पोट तपकिरी काळें, तकली आनी मान ुरकट काळी पूण ताचेर पाखां नासतात. दोळे तपकिरी आनी चोंच आनी पांय काळसर आसतात. हो गीद लेगीत मेल्ल्या जनावरांच्या मांसाचेर पोट भरतात. ताची नदर एकदम तीक्ष्ण आशिल्ल्यान मळबांत उंचायेर घिरट्यो घालीत आसतना जमनीचेर पडिल्लें मेल्लें जनावर ताका सहज दिसता. हाच्या घरट्याचें वीणकाम ऑक्टोबर - मार्च मेरेन आसता. घरटें गृधराजाच्या घरट्या सारकें आसून मादी एकूच धवें तांती घालता.

**ईजिप्शियन गीद** : ॲक्सिपिट्रिडी ह्या पक्षीकुळांत वयल्यां गिदां भायर आनीक एका प्रकारच्या गिदाचो समावेश केला. हाका ईजिप्शियन गीद वा धवो गीद म्हणटात. हाचें शास्त्रीय नांव निओफ्रॉन परक्नॉप्टेरस अशें आसा. दक्षिण, युरोप, आफ्रिका आनी आशियांत हे दिश्टी पडटात. भारतांतल्या सगळ्या भागांचेर तें मेळटा.

ह्या पक्ष्याचो (गीद) आकार घोणी एदो आसता. सगळें शरीर मळकट धव्या रंगाचें आसून तकली हळडुवी आसता. ताचेर पाखां नासतात. ताची चोंच हळडुवी आसता. उडपाच्या वेळार पांखां लांब आनी तोंकदार दिसतात. नर आनी मादी दिसपाक सारकींच दिसतात. हे पक्षी एक एकटे वा जोडप्यान रावतात.

ह्या ईजिप्शियन गिदाक मनशाचो मातसो लेगीत भंय दिसना. बिनधास्तपणान खंयय कोयर, घाण आसल्यार हो गीद येवन खावन वता. केन्ना केन्ना मेल्ल्या जनावराचें कुशील्लें मांसय खातात. ह्या गीदाचें घरट्याचें वीणकाम फेब्रुवारी ते एप्रील मेरेन आसता. काटे, आंगशे, केस अश्यो वस्तू घेवन खडपाचे खाचींत, इमारतीच्या कोनशांत वा दुरिगाचे खाचींत, झाडाचे धोलींत तो घरटें बांदता. दर खेपेक दोन ततयां घालतात. तांतया धवीं वा फिकट विटकरी आसून तांचेर तांबूस तपकिरी वा काळे दाग आसतात. नर आनी मादी आपलें घरटें तयार करप, तांतयां उबवप आनी पिलांक भरवप अशीं कामां करता.

पारशीं धर्मांत मेल्ल्या मनशाचें दफन वा दहन करिनात. तांचे मसुंडेतले बांयचेर मेल्ल्या मनशाची कूड हुमकळटात. गिदां अशा कुडींचें मांस खातात. तेखातीर अशा मसुंडिच्या आसपास गिदां चड प्रमाणांत आसतात.

आधुनीक काळांत पर्यावरणीय तशें नितळसाणिच्या कारणान, मेल्ल्यां जनावरांक बेगोबेग पुरतात. तेखातीर

गिदांक तीं खावंक मेळनाशिल्ल्यान तांची उपासमार जाता. ह्याच कारणांक लागून गिदांचो आंकडो उणो जायत चल्ला अशें एके पळोवणेंत दिसून आयलां. गीद हो प्राणी नश्ट जावंन वच्चो न्ही म्हणून, मेल्लीं जनावरां एके पयसुल्ले निर्जन अशे सुवातेर व्हरून दवरचीं आनी तेवरवीं गिदांच्या अन्नाची सोय करची अशें पक्षीप्रेमिंनी सुचयलां.

- सं.

**गुंज :** (मराठी - गुंज, हिंदी - चिर्मिती, गुंची, गुजराती - चनोती, संस्कृत - गुंजिका, इंग्लीश - क्रॅब्ज आय, इंडियन लिकराइस, रोजरी पी, लॅटीन - ॲब्रस प्रिकॅटोरियम, कूळ - लेग्युमिनोजी, उपकूळ - पॅपिलिऑनेटी).

सुमार पांच ते स मी. उंचायेर वाडपी आनी खूब वर्सां उरपी वाल. ती रूखाचो आदार घेवन वयर चडटा. भारतांत सगळ्यां वाठारांनी ही वाल जाता. गोंयांत तेचपरी महाराष्ट्रांतल्या कोंकण आनी कर्नाटकांतल्या उत्तर कारवार ह्या प्रदेशांत दर्यादिगे वयल्या पातळ आनी ओलसार रानांनी ही वाल दिश्टी पडटा. उश्ण कटिबंधांत हेर कडेन ही वाल सादारणपणान दिश्टी पडटा.

हे वालिचें कांड गुळगुळीत आसून ताची पानां एकसंध आनी पांखा भशेन आसतात. पावसाळ्यात हे वालीक तुऱ्याचेर गुलाबी रंगाचीं ल्हान आनी गच्च फुलां येतात. सांगो खूब ल्हान आसून त्यो फुट्टकच तातूंत वाटकुळ्यो गुळगुळीत 4 ते 6 बियो भायर पडटात. ह्या बियांक गुंजो म्हणटात.

गुंजो दोन तरांच्यो आसतात. तांबडी आनी ताचेर काळे तिबो आशिल्ली आनी दुसरी धवी. कांय वेळां ह्यो गुंजो पुराय तांबड्यो वा पुराय काळ्यो आसतात.

**उपेग :** हे वालिचीं मुळां, पानां आनी बियो वखदी आसतात. मुळां आनी पानां गोड आसून बियो तिखट आसतात. तीं पुश्टीक, कामोत्तेजक, पित्तनाशक, रूचिवर्धक, कांतिवर्धक, श्वेतकुश्ठनाशक, चर्मरोगहारक आसतात. घावे आनी खोरोज हांचेरूय मुळां, पानां आनी बियो उपेगी पडटात.

जोर, तकली उसळप, दमो, तोंडातलीं दुखणी, दांत किडप हांचेर मुळाचो रोस घेतात. ताळो बसतकच ताची पानां चाबून खाल्ल्यार ताळो सुट्टा. बियो कांय प्रमाणांत सारक, वांतिकारक आनी चड प्रमाणांत विखारी आसतात. बियांचें चूर्ण दुदांत तापोवन दिल्यार पौश्टिक आनी कामोत्तेजक आसता. सांदे धरप, पांयांचे तळवे हुलपप हांचेर बियांचो लेप लायतात. चड तकली उसळल्यार बियांचो पिठो पुडी भशेन ओडल्यार उपायकारक थारता. बियांतल्या विखारी द्रव्यांत ॲब्रीन हें ग्लुकोसाइड आसता. आदल्या काळांत भांगर जोखपाक गुंजिचो (बियांचो) वजनमाप म्हण उपेग करताले.

वयले वखदी उपाय करचे पयलीं जाणकारांचो सल्लो घेवप गरजेचें आसा.

-सं. मं.

**गुडगुडी :** तंबाकू सारक्या पदार्थाच्या धुम्रपाना खातीर वापरिल्लें एक उपकरण.

सिगारेट, सिगार, चिरूट, विडी, पायप,चिलीम, हुक्का आनी गुडगुडी हीं धुम्रपानाचीं मुखेल उपकरणां. हातुंतलीं गुडगुडी आनी हुक्का हीं साधनां उदेंते कडल्या देशांत पयलिंच्या काळां सांवन तंबाकू सारक्या पदार्थाच्या धुम्रपाना खातीर वापरतात.

उर्दूंतल्या 'हुक्क' ह्या मूळ 'आयदन' असो अर्थ आशिल्ल्या शब्दा वयल्यान सबंद उपकरणाक 'हुक्का' हें नांव पडलें. ह्या आयदनरूपी उपकरणाक दोन भाग आसतात. वयल्या आयदनांत तंबाकू सांठोवपा खातीर आनी जळोवपा खातीर तजवीज आसता. सकयल्या आयदनांत उदक सांठयतात. तंबाकू जळटकच तयार जाल्लो धुंवर उदकांतसून गाळून जातकच मागीर लांब-लवचीक नळयेंतल्यान श्वसनमार्गांत ओडपाची वेवस्था ह्या उपकरणांत आसता. मुसलमान राजांचे मुस्तींत चड करून गिरेस्तांच्या घरांत हुक्का आसतालो आनी थंय

ले तशेंच बायलांनी लेगीत हुक्का ओडपाची प्रथा शिल्ली. हुक्का सोयऱ्यांक दिवपाचीय चाल शिल्ली. हुक्काचीं आयदनां वेगवेगळ्या धातूंपसून नी तरेकवार नक्षीकाम केल्लीं आसतालीं. हो हुक्का ज खूब कमी प्रमाणांत दिसपाक लागता. पूण तो कांय डन आशिल्ल्या वस्तूसंग्रहालयांत पळोवंक मेळटा.

हुक्का आनी गुडगुडी ह्यां दोनूय उपकरणांत खुबशें म्य आसा. गुडगुडी हें हुक्का सारकेंच आशिल्लें करण. हें उपकरण मराठेशाहीच्या काळांत खूब कप्रिय आशिल्लें.

हुक्काचें उदकाचें आयदन धातूचें आसतालें. जाल्यार गुडिचें उदका खातीर केल्लें आयदन नाल्लाच्या सबंद ट्टेपासून केल्लें आसतालें. गुडगुडिची हेर सगळीं डावळ हुक्कासारकीच आशिल्ली. म्हणजे उदक ठोवपा खातीर केल्ले कट्टेच्या आयदनाक एके वटेन गकूची नळी आसताली जाल्यार दुसरे वटेन श्वसनमार्गा न धुंवर ओडपा खातीर आनीक एक नळी आसताली. गकू जळटकच उदकांतल्यान धुंवर येतालो तेन्ना 'गुड-ड' असो आवाज जातालो. देखून ह्या उपकरणाक डगुडी' अशें नांव पडलें अशें म्हणटात.

आधुनिक काळांतल्या फिल्टर - सिगारां पयलीं तल्याश्याच वर्सां आदीं तंबाकूचो धुंवोर उदकांतल्यान ळून (फिल्टर करून) घेवपाचे गिन्यान आदल्या कांक अवगत आसलें, हें गुडगुडी आनी हुक्का करणाचे मांडावळींतल्यान समजता. तंबाकूत लायकेक अपायकारक गूण आशिल्ल्यान उदकाचे ळणेंतल्यान ताची खरसाण उणी करपाच्या हेतांतल्यान उदक गाळणी आसली. उदक गाळचेणें हें आदलें तत्व धुनीक फिल्टर-सिगारांत विकसीत जालां आसूं येता.

-सं.

**गुडी - पाडवो (संवसार पाडवो) :** हिंदुंची नव्या वर्स दिसाची परब. चैत्र शुद्ध प्रतिपदे वन हिंदू पंचांगाप्रमाण नवें वर्स सुरू जाता. शालीवाहन



शकाचें वर्स ह्या दिसा सावन सुरू जाता. तातूंत ब्रह्मपुजा हो एक म्हत्वाचो भाग आसा. हो करपाचो उद्देश म्हणल्यार ब्रह्मदेवान चैत्र शुद्ध प्रतिपदेक सगळें जग निर्माण करून कालगणना सुरू केली. श्रीसुर्यसिद्धान्ताच्या मताप्रमाण चार युगां एक हजार खेपे जावन गेलीं म्हणटकच ब्रह्मदेवाचो एक दीस जाता. ब्रह्मदेवाचें सगळें आयुश्य 100 वर्सां. सद्या ताच्या आयुश्याचीं 50 वर्सां जावन गेल्यांत आनी 51 व्या वर्साच्या पयल्या म्हयन्याच्या पयल्या पक्षाच्या पयल्या दिसाक सुरवात जाल्या.

ब्रह्मदेवान संसाराची सुरवात ह्या दिसा केल्ल्यान हाका 'संसार पाडवो' म्हणटात. ताका 'युगादितिथीं'य म्हणटात. वा सवंत्सर (वर्स) ह्या उतरा वयल्यान संवसार पाडवो हें उतर आयलां आसूं येता. ब्रह्मदेवाची पुजा जातकच विफळां, पळां, घटकां, प्रहर आदीं सगळ्यां काल विभागांची पुजा करपाक सांगल्या. उपरांत दक्षकन्या आनी विष्णुची पुजा करपाक सांगल्या. यविश्ठ नांवाच्या पदार्थान अग्रीत हवन करप, ब्राह्मण भोजन

आनी आप्त इश्टांक देणग्यो दिवप, ज्या वाराक हो पाडवो येता त्या वाराक अधिपतिची पुजा करची अशें भविश्य पुराणांत सांगलां.

ह्या दिसा कांय लौकीक आचार आसात. घरांतलीं मनशां फांतोडेर उठून, न्हांवन धुवून (न्हांवच्या पयलीं आंगाक तेल, उटणें काडटात) नवीं वस्त्रां घालून देवाची पुजा करतात.

'कोडुलिंबू' ह्या दिसाचो खाशेलो पदार्थ. कोडुलिंबू पसून काडिल्लो रोस पिल्या बगर ह्या दिसा कांयच खावप नासता. कोडुलिंबाचो रोस पिवप आनी उपरांत कसलोय गोड पर्था खावन तोंड गोड करप, हेंच ह्या दिसाचें खाशेलेंपण जावन आसा. कोडुलिंबू हो वखदी आशिल्ल्यान ताचो इल्लो तरी रोस वर्सांतल्यान एकदां पोटांत पडचो ह्या उद्देशान ही संकल्पना आयल्या आसूं येता.

वर्साची सुरवात कडू आनी गोड (दूख-सूख) दोगांचीय रूच घेवन करची. दूख पचयल्या उपरांत सूख भोगपाचो हक्क प्राप्त जाता अशीय हाचे फाटल्यान संकल्पना आसूं येता.

**कोडुलिंबाचो रोस काडपाची रीत :**

1) कोडुलिंबाची तन्नीं पानां, मिरयां, हींग, मीठ, ओंवो (वोंवो), साकर आनी आमटाण घालून चिड्डून केल्लें एकजीव कालवण.

2) कोडुलिंबाचीं पानां मिक्सरांत बारीक वांटून घेवन केल्ली चटणी.

3) मिक्सरांत घालून, सुकेंशेंच वांटून घेतिल्लें वांटण.

कोडुलिंबाचो रोस पोटांत घेतलो तर सगळीं दुयेसां बरी जातात. सूख, विद्या, आयुश्य आनी लक्ष्मी प्राप्त जाता अशें पंचागांत सांगलां. उपरांत कोंड्या बडयेच्या तोंकाक रेशमी वस्त्र (गुडी) बांदून ताचेर कलश म्हणजे रूप्याचें वा पितुळचें आयदन (चिमू, तांबयो) ओमथें घालून ताका आंब्या ताळो, कडुलिंबाचो ताळो, फुलांच्यो माळो बांदून तो ध्वज फुडल्या दारांत घराच पाख्या वयर लायतात. हाकाच 'गुडी उबारप' अ म्हणटात. ह्या दिसा गुडी (ब्रह्मध्वज) उबारतात म्हण ताका 'गुडी पाडवो' अशें म्हणटात. गुडी पाडव्या दि जी गजाल करता ती वर्सूयभर मेळटा असो समज आस देखून त्या दिसा जेवणाचे खूब प्रकार करतात. गु पाडव्या दिसा कामाक गेल्यार वर्सूयभर नशिबांतलें का चुकना अशें कांय लोक मानतात. याचकांक आप तांकीप्रमाण दान दिवन संतुश्ट करतात. तरेतरेचीं गायन वाद्यां आनी पुण्यपुरूशांची चरित्रां आयकतात. हो दी आपलीं बायल-भुरगीं, इश्ट-इश्टीण हांचे वांगडा सार तर वर्सभर सूख मेळटा असो समज आसा.

ह्या दिसा पंचागाचें कथन-श्रवण करपाक सांगल नव्या वर्साचें संवसार -फलाचें भट वाचन करता आ लोक तें आयकता. हातूंत नव्या वर्सांत जावपी, बऱ्या वायट घडणुकां संबंदी भट म्हायती दिता. पावसा प्रमाण, धान्य, घडामोडी संबंदी भट पंचांगांतले म्हायती धरून भाश्य करता. तेचप्रमाण राशीप्रमाण वैयक्ती भविश्य निदानय करप जाता.

वर्सफल आयकतकच पाप- नाश, धन- प्राप्ती, यश प्राप्ती आनी आयुमानांत वाड जाता अशें मानतात.

हिंदु समाजांत हो दीस पवित्र आनी शुभ मानला. हिं धर्मशास्त्रांत जे साडेतीन म्हूर्त (शुभदीस) सांगल्य तातुंतलो पाडवो (चैत्र शुक्ल प्रतिपदा) हो एक म्हुर्त दी आसा. उरिल्ले अडेज म्हुर्त अशे आसात. एक म्हुर्त दस (आश्वीन दसम- विजयादसम), एक म्हुर्त अक्षय तृतीय (वैशाख शुक्ल तृतिया) आनी अर्द म्हुर्त कार्तीक एकाद (कार्तीक शुक्ल प्रतिपदा).

ह्या साडेतीन म्हुर्तां दिसा नवें घर, आस्थापन, उद्देग व तत्सम उपक्रमांक सुरवात केल्यार तांकां खात्रेन यशप्रा जाता अशी भावना आसा. तशेंच ह्या दिसांनी कसल्या नव्या कामाक सुरवात करपा खातीर थारावीक शु समयाची वेळ (म्हुर्त) पळोवपाची गरज नासता. कारण साडेतीन दीस पुरायपणान शुभ आसतात. ह्या दिसां

त्र्यो वस्तू, भांगर, रूपें घेवपाची चाल आसा.

कोंकणांत गुडी पाडवो, संवसार पाडवो म्हणून नवें र्स मनयतात. तशें भारतांतल्या हेर प्रदेशांतलेय हिंदु लोक ापापले परीन आनी नांवान हो दीस मनयतात.

कानडी आनी तेलगु लोक 'उगडी' नांवांन नव्या र्साचो पयलो दीस मनयतात. ह्या दिसा हे लोक 'उगडी चडी' नांवांचो कडू-गोड-आंबट पदार्थ प्रसाद म्हणून ातात. हातूंत कडुलिंब, गॉड, ऊस, मिरसांगो, आंबे, ळीं, आमटाण आसता. हातुंतल्यो वेगवेगळयो रूची ्हणजे जिवितांतले वेगवेगळे अणभव अशें मानतात. ह्या ्सा हे लोक पंचागाचें वाचन-श्रवण करून तातुंतलें शीप्रमाण केल्ले भविश्य आयकतात.

• 'नवरेअ' (नवरोझ) ही काश्मिरी लोकांची नव्या र्सदिसाची परब. हे परबेक काश्मिरी लोक शीत, पेढे, ांगर, रूपें, महालक्ष्मी देवीची मूर्त, धंय आनी आरसो ाशिल्ली थाळी करता आनी घरांतले सगळे लोक ाकाळीं उठनाफुडें थाळींतल्या आरशांत पळयतात. अशें ेल्ल्यान तांच्यो इत्सा पुराय जातात असो समज आसा.

फुडले णव दीस उपास करून 'दुर्गासप्तशती' चें वाचन करतात आनी णव्या दिसा णव कुमारिकांची पुजा करतात.

मणिपुरी लोक 'चेयरा ओबा' ह्या नांवान हो दीस ानयतात. ह्या दिसा ते 'सनमाही' ह्या आपल्या देवाक ाजी अर्पण करतात आनी उपरांत ही भाजी शिजोवन ताचें ेवण कोनथोंग ह्या आनीक एका देवाक दाखयतात. ेवण जेवल्या उपरांत लोक सामुदायीक खेळ खेळून हो ीस सारतात.

हिमाचल प्रदेशांत ही परब 'चैती' परब म्हणून ानयतात.

चैत्र म्हयन्याच्या दुसऱ्या दिसा, नव्या वर्साचो दीस ्हणून सिंधी लोक मनयतात. ताका चेटी चांद म्हणटात. ह्या दिसा गोड धोड जेवणा वांगडाच हे लोक प्रार्थना, भजन करतात. सामाजीक संमेलनां आयोजीत करून ननोरंजनाच्यो कार्यावळी आयोजीत करतात.

- सं.

**गुड्डुल्यां परब :** भाद्रपद म्हयन्याचे शुद्ध एकादशीक ही परब कुणबी समाजांत मनयतात. हे परबेक घोडूक झाडाच्यो तीन खुटयो शेतांत त्रिकोणी पुरतात. खुटयांच्या वयल्या तोंकार करमला झाडाची खांदी दवरात. पांडवा मदल्या बळिश्ट पांडवाचो म्हणजे भिमाचो भोवमान हे परबेक करतात. बळिश्ट भीम शेताचें रक्षण करतलो हे भावनेतल्यान ताची पुजा करतात.

ह्या दिसा सांजचे गांवांतले दादले-बायलो मध्यवर्ती सुवातीचेर जमतात आनी थंय पेटयल्ल्या उज्या सरभोंवती गुड्डुल्यां पदां म्हणटात. ह्या पदानी चडशें करून महाभारतांतल्या कौरव - पांडवांच्यो कथा आसतात. आनी तातूंत भीम आनी ताच्या पराक्रमांक प्राधान्य दिल्लें आसता. हे परबेक कुणबी लोक वरी वा उकड्यां तांदळाचे भाकरे सारकी आंबोळी नावांचो पदार्थ तयार करतात. रातभर गायन सोपलें उपरांत वाड्या वयलीं आंकवार भुरगीं घराघरांत वचून आंबोळ्यो आनी नाल्ल एकठांय करतात. अशे तरेन जमयल्लो आंबोळ्यो आनी नाल्ल जमिल्ल्या लोकांक वांट्टात आनी मागीर घरा व्हरून नाल्लाच्या रोसांत बुडोवन आंबोळ्यो खातात.

आळवाचें पान, कुमयाची दोरी, भिण्णां, भिल्ल माडाचो कापूस आनी घोडकाचें पान घेवन एक व्हडलो चीरूट तयार करता. तेच प्रमाण केळिच्या शेंतान (सुकेंपान) तंबाकू घालून एक व्हडली विडी तयार करतात. चीरूट, विडी, नाचण्याची भाकर आनी आळवांच्या पानांतलें उदक कुणब्यांच्या जाळवणदाराच्या घरा भायर भीमा खातीर बांददतात.

गुड्डुलो हें उतर गुट म्हणजे गुपीत वा कुवाडें ह्या उतरा वयल्यान आयलां आसूं येता. गुड्डुल्ल्यां पदांनी कुवाडीं घालप आनी कुवाड्यांक जाप दिवप अशें जुगलबंदी पद्दतीचें गायन चलता. गुड्डुल्लो म्हणजे घट-मूट आंगाचे सशक्त मनीस. गुड्डुल्यां पदांनी चडशें करून भीमाचा आनी ताच्या पराक्रमाचो उल्लेख येता. हाच्या वेल्यानय ह्या पदांक गुड्डुल्या पदां म्हणप जालां आसूं येता. आनी

हे परबेक गुड्डुल्यां परब म्हणटात आसूं येता.

- सं.

**गुडे : पळयात → कुडें**

**गुडे, सखाराम गोपाळ :** (जल्म :....?, मरण : 22 एप्रील 1996).

गोंयचो नामनेचो समाजसेवक आनी बऱ्यांतलो बरो वैज. ताचें घर शेणेवाडो (शनिवाडा) शिरोडें (गोंय) हांगा. तो, ताची घरकान्न, दोग चले आनी एक चली असे ताचो घराबो.

सखाराम शिकतालो तेन्ना ताच्या बापायन खंय म्हणिल्लें, आपलो चलो बरो शिकलो आनी दोतोर जालो जाल्यार लोकां कडल्यान तपासपाचें पयशे घेवचो ना. बापायन दिल्ल्या उतराक जागून तो तपासपाचे पयशे घेनासलो. फकत वखदांक लागपी पांच आणे (सोळा आण्यांचो एक रूपया) घेतालो.

सखाराम गोपाळ गुडे अशें ताचें पुराय नांव. पूण ताचे कळकळिचे लोकसेवेक लागून सगळो लोक ताका 'सखा' दोतोर म्हूण वळखताले. हेर दोतोर तपासले बगर वखद दिनात,पूण सखा दोतोर तपासनासतनाय वखद दितालो. फकत ताका वायटकाराच्या वायटासंबंदी सारकें सांगचें पडटालें.

आदल्या काळार आतां भशेन रस्ते आनी गाडयो नासल्यो. रिक्षा, टॅक्सी नासल्यो. ताका लागून घरांतलो कोणूय बरोना जालो जाल्यार दोतोरा कडेन व्हरप शक्य जाय नासलें, आनी दोतोराक घरा हाडप तितकेंच कुस्तार जातालें. अशे परिस्थितींत सखा दोतोरान शिरोड्यां आपल्या घरांतूच लोकांक वखदां दिवपाक सुरवात केली. पयशे जोडप हो तांचो उद्देश नासलो. अडचणींत आशिल्ल्या गरिबांक वेळार वखदां दिवप आनी लोकांक पिडेंतल्यान बरें करप होच ताचो मुखेल उद्देश आसलो. सखा दोतोर जायते फावटीं लोकांक फुकट वखदां लेगीत दितालो. एकदां वखद दिलें आनी काम सोंपलें, अशें तो केन्नाच मानिनासलो. वायटकार मनशान नेमान वख व्हरपाक जाय आसलें आनी वखद व्हेलां कांय ना हाचे ताचें सदांच लक्ष आसतालें. कांय फावटीं पयशे नासू कांय लोक दोतोरा म्हऱ्यांत ये नासले. आनी हें जेन् दोतोराक कळटालें तेन्ना दोतोर खासा तांच्या घरा वचू तांकां वखदां दितालो. सखा दोतोरालें वखद साम अचूक आसतालें. देखून तांच्या दारांत गरिबां वांगडा गिरेस्तांचीय गर्दी आसताली. आठवड्यांतल्यान दोन दी दोतोर मडगांवच्या लोकांक वखदां दिवपाक मडगां वतालो. ताच्या म्हऱ्यांत फावटीक पन्नास ते सा पिडेकार येताले.

कांय वर्सांनी शिरोड्यां 'काराय' ह्या वाठारांत 'डॉ एस. जी. गुडे' नांवान एक हॉस्पिटल बांदलें. ह्य हॉस्पिटलांत ताणें कांय वर्सां वावर केलो. उपरांत हॉस्पिटल सरकाराचे सुवादीन केलें. कितेंय तरी घेवपाव जाय म्हूण फकत एक रूपया घेवन हो वेव्हार जालो आयज ह्या हॉस्पिटला सामकार भुरग्यांक खेळपाव बगिचो आसा आनी थंयच दोतोराचें स्मारक बांदलां.

ताच्या 75 व्या वर्सा तरवळेच्या लोकांनी ताचं सत्कार केलो. मागीर शिरोड्यां गांवच्या लोकांनी सत्का केलो. हेच तरेन गोमंतक विद्यालय धारबांदोडा हांणीय ताका मानपत्र दिवन सत्कार केलो. शिरोड्यांत ताच्य नांवान एक हायस्कूल चलता आनी थंयच्या एक रस्त्याक दोतोर गुडेचें नांव दिलां.

तरवळे गांवांतलीं कांय मनशां सखा दोतोरान दिल्लीं वखदां आयज लेगीत घेतात आनी बरी धडधाक आसात. तशेंच ताणें बरोवन दिल्ले वखदांचे काग आयज लेगीत सांबाळून दवरल्यात आनी ताचे वयल्यान ते वखदां घेतात.

वाडटे पिरायेचे अखेर मेरेन आनी स्वताची भलायकी बरी नासतना लेगीत ह्या गरीबांच्या दोतोरान, गरीबांचो इश्ट जावन समाजसेवा केली. आदर्श दोतोराची व्याख्य सांगपाक लोक आयजय डॉ. सखाराम गुडेचें नांव घेतात.

- सं.

**गुबजी : पळयात → चिमणी**

**गुर्जर, विठ्ठल सीताराम** : (जल्म : 18 मे 1885 करोळी, जिल्लो : ...नागिरी, मरण : 19 सप्टेंबर 1962, रत्नागिरी)

कोंकणांतलो एक नामनेचो मराठी लेखक. बी. ए. ...रेन ताचे शिक्षण जालें. मुंबयंत ताचें वास्तव आशिल्लें. ...919 उपरांत तो करोळी हांगा स्थायिक जालो. 1910 ...1919 मेरेन 'मासीक मनोरंजन' हाचो सहसंपादक म्हण ...णें काम केलें.

मराठींत कथांच्या मळार गुर्जराचें म्हत्वाचें अशें स्थान ...ासा. गुर्जराच्या सगळ्या काणयांनी कथांचो विस्तार ...ला. मराठी वाचप्यांच्या मनांत कथेची आवड निर्माण ...रपाचें आनी नियतकालिकांच्या स्वतंत्र सृश्टींत तिका ...वतंत्र जागा मेळोवन दिवपाचें ताणे काम केलां. ...नयतकालिकांत कथेक खास स्वरूप दिवपाचें स्रय ...र्जराक वता. 1908 ते 1962 मेरेन ताणें सातत्यान ...लेखन केलें.

ताच्यो सुरवातिच्यो कांय कथा अणकारात्मक आसा. ...ाच्या मनाचेर बंगाली साहित्याचो विशेश प्रभाव ...डिल्लो. ताका लागून ताणें बंगाली भास आत्मसात ...रून तातूंतल्यो कथा, कादंबऱ्यो अणकारीत केल्यो. ...ंगाली कथेची तत्कालीन शैली, रहस्य आनी रंजकता ...ाणें आपणायली.

ताच्यो कथा लघुकथा ना तर दीर्घकथा आसा. कथा ...ो साहित्य प्रकार कादंबरी ह्या साहित्य प्रकारा परस ...ेगळो आसा, हाची जाणीव ताणें मराठी रसीकांक करून ...दिली. पयलिंच्या कथांतली निती आनी बोधप्रदता ...कुशीक दवरून कथेंत रंजकता हाडली. घुस्पागोंदळ, ...रहस्यमयता, कृत्रिमता आनी योगायोग हे ताच्या कथांतले ...स्थायीभाव आशिल्ले. ताचे कथेतलें वेगळेपण म्हणजे ...वाचकांक सोशये वांगडाच अजापाचो धक्को दिवप, अनअपेक्षीत ...कलाटणी ह्यो विशेशतायो ताच्या कथेंत मेळटाल्यो. ...ताच्यो सगळ्यो कथा घटनाप्रधान आशिल्ल्यो.

त्या काळांतल्या मध्यमवर्गी लोकांचें चित्रण ताच्या कथांत दिसून येता. चतुरतायेन उलोवपी संवाद, पाल्हाळीक वर्णनां, नर्म -विनोद, वाचप्यांक विश्वासांत घेवन केल्लें निवेदन, ह्यो सगळ्यो विशेशतायो गुर्जराच्या कथांनी मेळटात. ताचें विशेश लेखन कथा आनी कादंबरी ह्या साहित्य प्रकारांत आसा. ताणें कांय गितांय बरयल्यांत. "एकच प्याला" ह्या राम गणेश गडकऱ्याच्या नाटकांतली ताचीं गितां प्रसिद्द आसात. "द्राक्षाचे घोस" हो ताचो एकूच कथा झेलो प्रकाशित जाला. ह्या कथेझेल्यांत फकत इकराच कथा आसात. हाचे भायर सुमार 700 कथा ताणें बरयल्यो. पूण त्यो पुस्तक रूपांत उजवाडाक आयल्यो ना. म्हयनाळ्यांनी आनी कांय पत्रांनी प्रसिद्द जाल्यात.

"मनोरंजक ग्रंथ प्रसारक मंडळीची पुस्तक माला" ह्या मालेंत ताच्यो कादंबऱ्यो प्रसिद्द जाल्यात. त्या काळांत गुर्जरान केल्ल्या बंगाली साहित्याचो अणकार खूब दर्जात्मक आसा. ताच्यो अणकारीत कादंबऱ्यो इतिहासीक आनी सामाजीक आसा.

"जीवन संध्या", "प्रेम प्रयोग", "हिरक वलय", "संसार - असार", "शशांक", "हतभगिनी", "कांचनमाला", "पौर्णिमेचा चद्र", "अंजन", "देवदास", "चरित्र हीन" अश्यो ताच्यो स्वतंत्र कादंबऱ्यो आसात.

ह्या सगळ्यां कदंबरींनी त्या काळातल्या समाजाचें चित्रण दिसून येता.

**- सं. मं.**

**गुरव : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**गुरू पुनव (गुरू पौर्णिमा)** : एक परब. आशाढ पुनवेक गुरू पौर्णिमा अशें म्हणटात. ह्या दिसा व्यासाची पुजा करपाची प्रथा आसा. तिका व्यास पौर्णिमा अशेंय म्हणटात. आदलो शंकराचार्य हो व्यासाचोच अवतार आशिल्ल्यान

ह्या दिसा व्यासपुजा म्हणून शंकराचार्याची पुजा करतात. ह्या दिसा शिश्य आपल्या गुरूची पुजा करतात. ह्या पुजेचो विधी असो आसा :

सगळीं कामां जाग्यार घालून, न्हाल्या उपरांत 'गुरूपरम्परासिद्धर्थ व्यासपूजां करिष्ये' असो संकल्प करतात. एक धवें वस्त्र मुखार घालून ताचेर पूर्वेकडल्यान पश्चिमे कडेन आनी उत्तरे कडल्यान दक्षिणे कडेन अशो गंधान बारा रेघो ओडटात. हाका व्यासपीठ मानतात. उपरांत ब्रह्मापरापरशक्ती, व्यास, शुकदेव, गौडपाद, गोविंदस्वामी आनी शंकराचार्य हांचे ह्या व्यासपीठाचेर आवाहन करून तांची षोडशोपचार पुजा करतात. ह्या दिसा दीक्षागुरू आनी आवय-बापायचीय पुजा करपाची प्रथा आसा. ज्या गुरू कडल्यान विद्या संपादन करून घेतिल्ली आसता ताका गुरूदक्षिणा दिवन ताका संतुश्ट करून, ताचो आशिर्वाद घेतिल्ल्यान विद्या सफळ जाता अशी स्रद्धा आसा.

गुरू पुनवेक गुरू-पुजा करपाची परंपरा आजय धार्मीक संस्थानी चलता. तेच वांगडा संगिताचें शिक्षण (गायन, वादन, नाच) दिवपी शिक्षण संस्थांनीं आनी गुरूकुलांनीं गुरूपुजेची परंपरा चलता. हेर शिक्षण संस्थांनी 5 सप्टेंबर ह्या दिसा शिक्षक दीस पाळून शिक्षकांचो उतरांनी आनी फुलांनी भोवमान करता. हो दीस भारताचे आदले राष्ट्रपती आनी नामनेचे शिक्षक, श्री सर्वपल्ली राधाकृष्णन हाचो जल्मदीस आसा.

तमिळनाडूंत ज्येश्ठ म्हयन्यांत हे पुनवेक (पौर्णिमेक) व्यासपुजा जाता. दक्षिण भारतांत शंकराचार्याची शृंगेरी आनी कुंभकोणम ह्या पीठांत व्यासपुजेचो उत्सव व्हडा उमेदीन मनयतात.

ह्या दिसा गौतम बुद्धान धर्मचक्रपरिवर्तन केल्लें. जैन लोकूय ह्या दिसा उपास करून जिनपुजा करतात. म्हणून हिंदू, बौद्ध आनी जैन धर्मांत ह्या दिसाक खाशेलें म्हत्व आसा.

**- सं. मं.**

**गुरूद्वार :** शीख लोकांच्या उपासना मंदिराक व
तिर्थाक 'गुरूद्वार' म्हणटात. 'गुरूद्वार'
ह्या शब्दाचो अर्थ 'गुरू रावपाची सुवात' असो आस 'ईश्वर ज्या जाग्यार रावता तो जागो म्हणल्यार 'गुरूद्वा अशी शीख लोकांची स्रद्धा आसा. उपासना केल्य देवाच्या महालाचो दरवटो उगडटा अशे समजुती उपासना मंदीर वा गुरूद्वाराक ईश्वराचो दरवटो मानून पु करतात. पयलीं अशा जाग्याक धर्मसाल म्हणटाले. पु हो शब्द वापरांतल्यान गेला आनी गुरूद्वार हें उत घोळपाक लागलें.

हेर देवळांनी जशी देवाची मूर्त आसता, तश गुरूद्वारांत देवाची मूर्त नासता. तर थंय शिखांचो पवि धर्मग्रंथ 'ग्रंथसाहिब' हाची थापणूक केल्ली आसत शिखांचे दिसपट्टे आनी रासवळ धर्मीक वेव्हार ह गुरूद्वारांत जातात. शिखांचे दिसपट्टे उपासने भित जपजीसाहेब, सुखमनिसाहेब, आसादीवारचें कीर्तन जापसाहेब, आनंदसाहेब हे गुरूद्वारांतले सकाळ नित्यपाठ आसतात. ते उपरांत अर्जूनदेवाच्य सुखमनीतली प्रार्थना जाता. ही प्रार्थना जातकच धा गुरू पांच पूत्र, पंच प्यारे हांची याद करून निमाणे प्रसाद वांट जाता.

चडश्या मुखेल गुरूद्वारांतल्यान फुकट अन्नछ (लांगर) चलता. गुरूद्वारांत भितर सरतना तकल धांपपाक जाय असो धर्मीक नेम आसा. तेखाती गुरूद्वारांत भितर सरतना तकलेक वस्त्राचो कुडक गुठलायतात.

थळाव्या गुरूद्वाराचें वेवस्थापन त्या त्या गुरूद्वाराच्य वांगड्यांतल्यान वेंचून आयिल्लें मंडळ पळयता गुरूद्वाराची दिसपट्टी वेवस्था आनी पुरोयतपण 'ग्रंथी कडेन म्हणल्यार नेमिल्ल्या पगारी पुरोयता कडेन आसता ग्रंथीच्या हाताखाला वावर करपाक पगाराचेर नोक दवरिल्ले आसतात.

कांय इतिहासीक म्हत्वाच्या गुरूद्वारांचें वेवस्थापन पयलीं वंशपरंपरेन चलून आयिल्ल्या महंता कडेन

ासतालें. उपरांत तें तांच्या हातांतल्यान काडून घेवपा ातीर 1921 वर्सा शिखांनी एकवटीत जावन एक व्हड ळवळ उबारली. एका व्हड आंदोलना उपरांत ही ळवळ 1925 त जैतिवंत जावन 'गुरूद्वारा वेवस्थापन धिनेम' संमत जालो. मुखेल इतिहासीक गुरूद्वाराचें वस्थापन 'शिरोमणी गुरूद्वारा प्रबंधक कमिटी' हे ोकशायेचे धरतेचेर वेंचिल्ले संस्थेच्या हातांत आयलें. ा समिती गुरूद्वाराचें वेवस्थापन पळयता. केंद्र रकारच्या गुरूद्वारा वेवस्थापन अधिनेमाखाला रूद्वारांतली वांगड्यांची वेंचणूक जाता आनी मुखेल ध्यवर्ती मंडळ वेंचून काडटात.

शिखांच्या धार्मीक आनी सामाजीक वेव्हारांत रूद्वाराक खाशेलें म्हत्व आसा. धर्मग्रंथांत जे कांय ादाचे विशय आसतात, तांचेर धर्ममुखेली निर्णय घेता.

शिखांचीं चार धर्मपिठां आसात. तीं अशीं : 1) रिमंदीर साहेब वा दरबार साहेब, अमृतसर-पंजाब. ांचवो शीख गुरू, अर्जुनदेव हाणें ह्या गुरूद्वाराची ापणूक केली. हाकाच 'अकाल तख्त' अशें म्हणटात.

2) हुजूर साहेब, नांदेड-महाराष्ट्र हांगाचें हरिमंदीर ाजा रणजीत सिंगान बांदलें.

3) पटणा साहेब, पाटणा - बिहार. हें हरिमंदीर राजा णजीत सिंगान बांदलें. हांगाच गुरू गोविंद सिंगाचो जल्म ालो.

4) केशगढ साहेब, आंनदपूर - पंजाब. शिखांचो गवो धर्मगुरू, गुरू तेगबहादूर हाणें ह्या गुरूद्वाराची ापणूक केली.

ह्या चारूय धर्मपिठांक 'तख्त' म्हणटात. शिखांचे धार्मीक आदेश हांगा सावनूच भायर सरतात. हे खेरीज दिल्लींतलें शीशगंज हेंय इतिहासांत नामनेक पाविल्लें गुरूद्वार जावन आसा.

तेभायर कर्तारपूर, हरिगोविंदपूर, लाहोर, सियालकोट, पंजाबसाहेब, एमिनाबाद हीं पाकिस्तानांतलीं शीख लोकांचीं गुरूद्वारां, तीर्थक्षेत्रां म्हूण नामनेक पावल्यांत. गोंयांत बेती आनी वास्को हांगा सुंदर गुरूद्वारां आसात.

-सं. मं.

**गुलकंद :** एक वखदी पदार्थ. हो पदार्थ गुलाबाच्या पाकळ्यांपसून तयार करतात. हाका 'लेह' अशेंय म्हणटात. गुलकंद चड करून गरमेच्या दिसांनी तयार करतात. कारण ताका वताची गरज लागता.

गुलाबाच्या फुलांच्यो निवळ धुल्ल्यो पाकळ्यो 1 भाग आनी खडीसाकरेचो पिठो 2 भाग अशें मिश्रण बरणेंत वा लाखेच्या आयदनांत (लाखेचो थर आशिल्लो बुडकुलो) ओतून बरणी वा लाखेच्या आयदनाचें तोंड कपड्याच्या कुडक्यान बांदून दवरतात. दर दिसा तें हालोवन वतांत दवरलें म्हणटकच तें एकजीव जाता.

वतांतल्यान येतकच तकली फोडप, हात-पांच हुलपवप, दोळे जळप, खड्या भशेन परसा कडेन जावप, गरमी लागप, परत परत दोळे येवप, तोंड फुटप आदी, उश्ण विकारांचेर हाचो उपेग जाता.

तसोच हो गुलकंद रक्तविकार, मूत खडो, बिकाचें आसत तर तांचेरूय तो गुणाक पडटा. गरमेच्या दिसांनीं हें वखद सदांकाळ वापरपा सारकें आसा. हेर वखदां बराबर घेतल्यार जाता.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचें पयलीं दोतोराचो सल्लो अवश्य घेवचो.

- सं. मं.

**गुलगुंजी : पळयात → गुंजी**

**गुलगुलात (माठ) :** पिवपाचें उदक दवरपाचें मातयेचें आयदन. गिमाच्या दिसांनी गर्मेक लागून जाल्ली थंड उदकाची आस भागोवपाक मातयेच्या आयदनांतलें उदक आदल्या काळांत पिवपाची पद्दत आसली. मातयेच्या आंगांतल्या खाशेल्या गुणांक लागून, म्हणजे मातये अंतर्गत दोन कणां मदल्या सुक्ष्म बुरकांक लागून हवेचें आदान-प्रदान जाता

आनी तेवरवीं उदकाक थंडसाण येता आनी तिगता. तेभायर मातयेची सभावीक थंडसाण उदकाची थंडसाण राखपाक मदत करता. हें तत्व पारखून आदल्या काळांत थंड उदका खातीर मातयेच्या आयदनांचो वापर जातालो. गुलगुलात हें उत्तर मूळ पुर्तुगेज बोर्गोलेत ह्या उतरा वयल्यान आयलां.

गुलगुलातांचे वेगवेगळे आकार आसले तरी वयले वटेन धांपण्याक तेंकून कोंब्याच्या तोंडाच्या आकाराचें तोंड आशिल्लें, वांटकुळें गुलगुलीत आकाराचें आयदन (गुलगुलात) लोकप्रिय आसलें. धांपणे काडिनासतना ह्या आयदनांतलें उदक कोंब्या तोंडातल्यान घेवंक मेळटा. उपरांत मातयेच्या आयदनाक तळा कडेन धातुच्यो पिंयो बसयल्लीं गुलगुलातां आयलीं. सद्याच्या आधुनीक युगांत थंड उदक करपाचे वॉटर कुलर, फ्रीज सारकीं उपकरणां वापरांत आसात. तरीय भलायकेक पुरक अशा मातयेच्या आयदनांतल्या उदकाच्या गुणाक लागून आयज कांय लोक गुलगुलांताचे उदक पियेवप पसंत करतात.

**- सं.**

**गुलमोहर** : (मराठी : गुलमोहर, हिंदी : गुलमोहोर, कन्नड : संकेसरी, इंग्लीश : रॉयल पीकॉक फ्लावर, लॅटीन : डेलोनिक्स रेजिया, कूळ : लेग्युमिनोजी). एक फूल वनस्पत. सुमार 12 मी. उंच लांबायेचेर वाडटा. हाच्यो खांदयो पसरट आसतात. गरमेच्या दिसांनी सुरवेक हाची पानां गळटात. आनी फुलां निकर्तीच येवपाक लागतात. नवी कोमरी मे म्हयन्यांत वा जून म्हयन्याच्या सुरवातेक येता. खांद्याच्या तेंगशेर फुलांच्यो मंजिऱ्यो येतात. हाका फुलां फुलतात. तीं व्हड मोटी आनी दाट नारंगी रंगाची आसून प्रत्येकांत चार व्हड पाकळ्यो आनी तातूंत आनीक एक व्हडली पाकळी आसता. ह्या पाकळेचेर हळडुव्या आनी तांबड्या रंगांची भरसणी (मिश्र) दिसता. हाका सांगो आसतात. त्यो व्हड, चेपट्यो आनी पुराय पिकल्या उपरांत पिंगश्या



रंगाच्यो आनी घट्ट कोयतुलां आकाराच्यो जाता. ताच्यो बियो लांब आनी मिश्र रंगाच्यो आसतात. सुकिल्ल्यां सांगातल्या बियांचो सांगे भितर नादमधुर आवाज येता. ह्या झाडाची नवी लागवड बियांपसून करतात. तळीं, नाले, बांयो लेगीत आटल्यार हें झाड सुकना.

गुलमोहराक खुबशा नांवांनी वळखतात. कांय लोक 'व्हॅली ऑफ द फ्लेम' तर कांय गुलमोहर शाळेच्या आंगणांत उक्त्या मळार कडेक आशिल्ल्यान 'फ्लॉवर ऑफ प्युपील' ह्या नांवान वळखतात.

हें झाड सत्रे सारकें पसरिल्ल्यान ताची सावळी जिवाक थाकाय दिता. वारें येता तशें हाचीं फुलां रस्तोभर वा पांयवाटभर झडून पडटात. फुलां झडून पडिल्ली सुवात सुंदर दिसता.

हें झाड कोंकण वाठारांत चडशा सुवातिंनी पळोवंक मेळटा. चड करून आंगणांत वा उक्त्या मळार दिसता.

**- सं. मं.**

**गुलवाडी, ओंकारनाथ (पंडित)** : (जल्म 2 मार्च 1949, मंगळूर, कनार्टक) - एक नामनेचो तबलें वादक. ताचें प्राथमीक शिक्षण मंगळुरच्या ब्राह्मण स्कुलांत आनी माध्यमीक शिक्षण मंगळुरच्या गणपती हायस्कुलांत जालें. मंगळुरच्या सरकारी महाविद्यायांतल्यान बी.ए. ची. पदवी

तले उपरांत मुंबय वचून ताणें कॅनरा बँकेंत नोकरी रली. कांय काळ नोकरी केल्या उपरांत स्वेच्छा निवृत्ती वन ताणें तबलें-वादन शिकपाची साधना सुरू केली.

ओंकारनाथाचें घराणें संगितकारांचें जाल्ल्यान ताची ोड मंगिताकडेन आसप सभावीक आसलें. ताचो ्लतो रत्नाकर गुलवाडी, एक संगीतकार आसलो. ताचे रणेन ओंकारनाथ संगीत कलेकडेन आकर्शीत जालो. त्वमारीक नामनेचो तबलें-वादक पंडित तारानाथजी हाणें ोंकारनाथाक हे विद्येंत पारंगत केलो. पंडित चिदानंद गरकर आनी पंडित मंगेशनाथ गोवेकर हाणी ताच्या बलें-वादनांत फिशालकाय हाडली.

भारतांतल्या लागीं लागीं सगळ्यांच नामनेच्या ंगीतकारांक (गायन आनी वादन) पंडित ओंकारनाथान बल्या साथ दिल्या. हातुंतल्या जायत्या जाणांनी ओंकारनाथाच्या कलेची तुस्त केल्या आनी ताका न्मानान आपल्या मैफिलिनीं आमंत्रीत केला. पंडित ओंकारनाथान साथ दिल्ले कलाकार अशे आसात :-

गायक : पंडित कुमार गंधर्व, पं. मल्लिकार्जुन मन्सूर, ं. बसवराज राजगुरू, पं. चिदानंद नगरकर, पं. जितेंद्र अभिषेकी, पं. भिमसेन जोशी, दिनकर कायकिणी, केशोरी आमोणकार, बेगम परवीन सुलताना, शोभा गुर्टू, गंगुबाई हंगल, गिरिजा देवी.

वादक : पं. देवेंद्र मुर्डेश्वर, पं. हरिप्रसाद चौरासिया, पं. नित्यानंद हळदीपूर, कार्तीककुमार, उस्ताद शमीन अहमद, डी. के. दातार, पं. बुद्धदेव दासगुप्ता, पं. रामनारायण, उस्ताद लतीफ अहमद खान.

भारतांतल्या सगळ्यां नामनेच्या संगीत संमेलनांत आपली कला सादर करपाचें ओंकारनाथाक भाग्य लाबलां. भारता भायर अमेरिका, रशिया, इंग्लंड, युरोप, मिडल इस्ट अशा देशांनी ताचे संगीताचे दौरे जाल्यात. आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेरय ताच्यो संगिताच्यो कार्यावळी जाल्यात.

- **सं.**

**गुलवाडी, रत्नाकर भट :** जल्म (1909 मंगळूर, मरण :29.05.1983).

एक नामनेचो संगीतकार आनी संगीत वाद्य तंत्राचो जाणकार. ताणे आपल्या संगिताच्या अभ्यासाक आपल्या बापाय कडल्यान सुरवात केली. प्रो. अप्पु राव हाचे कडल्यानय ताका संगिताचें शिक्षण मेळ्ळें. श्रीधर पार्सेकार ह्या नावाजत्या व्हायोलीन कलाकारा कडल्यान ताका संगिताचें चडावत गिन्यान प्राप्त जालें. ताका सगळे तरेचीं तंतू वाद्यां, तशेंच पेटी (हार्मोनियम), जलतरंग आनी तबलें वाजोवंक येतालें. मांडोलीन ह्या पश्चिमी वाद्याचेर तो हिंदुस्थानी संगिताचे सूर काडटालो. भातखंडे ह्या विद्वान संगीत तज्ञांच्या ग्रंथांचो अभ्यास करून ताणें हिंदुस्थानी संगिताचे रागदारींत प्राविण्य जोडलें. मंगळुरच्या गणपती स्कुलांत आनी टिचर्स ट्रेनिंग स्कुलांत ताणें कांय वर्सां काम केलां. 1945 त ताणें श्री समर्थ संगीत शाळा सुरू करून ती सुमार 25 वर्सां येसस्वीपणान चलयली. संगीत कला प्रसारक संघ नावाची आनीक एक संगिता संबंधी संस्था सुरू करपा खातीर ताणे फुडाकार घेतलो. ताणें मुंबय आसताना थंयच्या रेडियोचेर आनी दूरदर्शनाचेर संगिताच्यो कार्यावळी सादर केल्यो. मुंबयच्या चंपा पिक्चर्सच्या कन्नड सिनेमा खातीर ताणे संगीत दिलां.

संगीत कलेची साधना करतांना, संगीत वाद्यांची निर्मिती करपांतय ताणे फिशालकाय जोडिल्ली. दिलरूबा, व्हायोलीन, तंबुरो, सितार आनी हेर तंतू वाद्यां ताणें घडयल्लीं. तातूंतल्या सितार हें पांच तंतूचे (सरयांचें) वाद्य ही ताची खाशेली निर्मिती आसली आनी तातूंत अती तार आनी अती मंद सप्तकां वाजोवंक मेळटालीं.

- **सं.**

**गुलवाडी संतोश कुमार रत्नाकर :** (जल्म 1938, उडुपी, कर्नाटक).

कन्नड आनी कोंकणी लेखक, पत्रकार. ताचो बापूय रत्नाकर भट गुलवाडी संगीतकार आसलो. ताचें पदवी मेरेनचें शिक्षण मंगळुरांत जालें. पत्रकारिता पदवेचें शिक्षण

मुंबयच्या भारतीय विद्याभुवन कॉलेजींत जालें. हांगाच ताणे कायद्याची पदवी घेतली. उपरांत ब्लूस्टार कंपनींत प्रसिद्धी विभागांत काम केलें.

नोकरी करतांनाच ताणें पत्रकारिताय केली. कर्नाटकांतल्या प्रजावाणी पत्रिकेंत ताणें साबार विशयांचेर लेखन करतांना मुंबयच्या चित्रपट, नाटक, संगीत आनी हेर कलेच्या मळा वयल्या उपक्रमांची आनी तांचे संबंधीत कलाकारांची वळख कर्नाटकाक करून दिली.

उपरांत तो मणिपालच्या 'तरंग' हे नव्यानच सुरू जाल्ले पत्रिकेचो संपादक म्हणून मुंबय सोडून उडुपीक आयलो. ताच्या कुशळ संपादना खाला दोन तीन वर्सां



भितर अदीक खपाची पत्रिका म्हणून कर्नाटकांत तिची नामना जाली. ताणे बरयल्लें हे पत्रिकेंतलें 'अंतरंग-बहिरंग' हें संपादकीय लेखन खुबूच लोकप्रिय जालें. मागीर हें लेखन स्वतंत्र अशा रूपांत दोन खंडांनी प्रकाशीत जालें आनी ताका कर्नाटक राज्य साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जालो.

ताचो, कर्नाटकांत चालंत आशिल्ल्या कोंकणी बालगितांचो संग्रह 'तातिंगण' आनी 'कुंड्या कुर्कुळ' (1989) हो लोककाणयां संग्रह कोंकणींत प्रसिद्द जाला. 'उग्राण मंगेशराव (1972), दक्षिण कन्नड जिल्लेय मक्कळ साहित्यद मोदलिगुरू (1990), हंसध्वनी (1994) हे ताचे कन्नड ग्रंथ प्रसिद्द जाल्यात. तेभाय चित्रापूर मठ आनी रथोत्सव माहिती, एक हजार संगी उपकरणां परिचय, गंजीफा कला आनी कलाकार परिच हाचेरय ताणें लेखन केलां. दक्षिण कर्नाटकाच्य लोकवेदाचेर आदारीत ताणें मुंबयत टी.वी.चेर कार्यक्र सादर केल्यात. इंग्लंड, अमेरिका, युरोप आनी जपाना ताणे व्याख्यानां दिल्यांत.

**- डॉ. गीता शे**

**गुलाब :** (मराठी : गुलाब, संस्कृत : शतपत्रा कन्नड :मुळुसे वंतिये, इंग्लीश : रोझ लॅटीन : रोझा, कूळ : रोझेसी).

एक सुंदर फुलझाड. सुमार 1 मी. उंचाय लांबायेचेर वाडटा. ताच्या कुशिंतल्यान अनेक फांटे (फागूर फुटतात. हाची पानां पाचवीं आसून तीं देगे वटे खरवतिच्या दांतां सारकीं आसतात. बऱ्या जातिच्य झाडाक एका फाट्याचेर एकच कळो येता. ह्या कळ्यां एका फाटोफाट एकमेकांत गुंथिल्ल्यो जायत्यो पाकळ्य आसतात.



भायलें कवच पांच पाचव्याच पानांनी धांपिल्लें ासता. हीं पानां मिरसांगे आकाराचीं आसतात. ह्या ळ्यापसून गुलाब फूल फुलता. हें फूल जेन्ना फुलता न्ना तीं पाचवीं पानांय पोंदच्यान पसरिल्लीं आसतात. लाबाच्या देठाक कांटेय आसतात. गुलाब ही वनस्पत व्रब आदीं सावन अस्तित्वांत आशिल्ली असो समज ासा.

थीओप्रुस्टस (इ. स. प. 370 -285) तशेंच प्लिनी इ. स. 23 - 79) ह्या शास्त्रज्ञांच्या लिखाणांत ुलाबाचो उल्लेख मेळटा.

**लागवड :** गुलाबाचें झाड रोयता आसतना ताका ण्यांत उणें दिसाक स वरां वत मेळपा सारकी सुवात ाय. गुलाबाची लागवड खांदयो, बियो, कलमां हांचे सून करतात. बियांपासून केल्ली गुलाबाची लागवड पारी नदरेन परवडपा सारकी नासता. चड करून ुलाबाची लागवड कलमांपसून करतात. गुलाबाचे रोपे र कुंडेंत लावपाचे आसत तर ते मातयेंत फातर आसपाक ावना. गुलाबाचो रोपो रोवच्या पयलीं मातयेंत इल्लें ारें घालपाक जाय. रोपो रोयल्या उपरांत चारूय टेंतल्यान ल्हव माती दाबपाक जाय. कलम करता ासतना रोपे मात्शे तिरपे लावपाक जाय.

गुलाबाच्या झाडाचें लुकसाण करपी कांय म्हत्वाच्यो ेकडी आसात. त्यो अश्यो : वायटी, पानां खावपी मूस, ववले किडी.

वायटी लागल्यार 10 टक्के बी. एच. सी. हें वखद ारपाक जाय.

पानां खावपी मूस आयल्यार 10 लिटर उदकांत 10 मि. ली. नुवान हें वखद घालून झाडाचेर फवारो मारपाक ाय.

खवले किडीं ताळ्यांचेर मेणा भशेन दिसपी, ाळ्यांचेर घट्ट बसतात. 0.1 टक्के रोगोर ह्या वखदाचो उपेग करपाक जाय.

गुलाब सात रंगाचे आसात. तांबडो, काळो, निळो, केसरी, धवो, पाचवो, हळडुवो.

तांबडो गुलाब मोग आनी मान (आदर) व्यक्त करता. व्हेलेन्टाईन डे (14 फेब्रुवारी) दिसा मोगी आपले मोगीकेक तांबडो गुलाब दिवन आपलो मोग दाखयता.

काळो वा निळो गुलाब मरणावेळार वापरतात. केसरी गुलाब इत्सा व्यक्त करता. तांबडो आनी धवो गुलाब एकवटपण, एकचार दर्शयता. तांबडो आनी पाचवो गुलाब खोशयेचें उमेदीचें वातावरण दर्शयता. केसरी आनी हळडुवो गुलाब उत्साह, उमेद दर्शयता. हळडुवो गुलाब खोशी आनी इश्टागत दर्शयता. धवो गुलाब पावित्र्य व्यक्त करता. 'व्हर्जिन मेरी' हिका धव्या गुलाबाची उपमा दिल्या. हाचो अर्थ धवो गुलाब निर्मळ, पवित्र असो जाता. अमेरिकेच्या संस्कृतींत धवो गुलाब म्हणजे खोशयेचें प्रतीक आनी लग्ना-कार्यांत चड करून धव्या रंगाचे गुलाब वापरतात. 'मदर्स डे' आसलो आनी एकाद्याची आवय भायर पडिल्ली आसत तर अशा दिसा व्हिएतनांत धवो गुलाब वापरात. आनी जाची आवय आसा तिका तांबडो गुलाब दितात. कांटे नाशिल्ले अनेक हळडुवे गुलाब दिल्यार हाचो अर्थ पयल्याच भेटेंत मोगान पडप असो जाता. गुलाबाचें पान आपूण आशादायक आसा हें दर्शयता. कांट्याच्या गुलाबाचो अर्थ मात्सो वेगळो आसा. असलो गुलाब दिलो तर घेवप्यान ताचो अर्थ धोको असो घेवचो. गुलाबाची रचना इंग्लिशिंतल्यान 'टी' ह्या आद्यक्षराप्रमाण केली तर ताचो अर्थ 'हांव केन्नाच विसरपाचो, विसरपाचें ना' असो जाता. काळो गुलाब शोक (दुख्ख) व्यक्त करता. एकाद्या व्यक्तीक मरण आयिल्ल्याची खबर दुसऱ्या मनशाक कळोवपाची आसत तर त्या व्यक्तिचें नांव घेवन काळो गुलाब दितात. एकादो मनीस बरो नाशिल्ल्यान हांतरूणार उरलो तर ताका पाचवो गुलाब दितकच 'बेगीन बरो जा' असो अर्थ जाता. आपल्या मनांतलीं ल्हवपीक भावना, खोस, प्रशंसा कळोवपाचें काम केसरी गुलाब करता. वेगवेगळ्या रंगाच्या गुलाबांची सांकेतीक अशी भास समाजान मानून घेतल्या.

सोबितकायेचें, टवटवितपणाचें, मोहकपणाचें वर्णन

करतना गुलाबाची उपमा दितात.

लजेन पोल्यार गुलाब फुल्ल्यात, गुलाबाच्या पाकळ्यां सारकें नाजूक ओंठ आसात अशो उपमा दिवप जाता. आदल्या काळांत चलयेक गुलाब अशें नांव दवरताले.

**उपेग :** एका आयदनांत उदक घेवन, तातूंत गुलाबाच्यो पाकळ्यो घालून दवरल्यार,सरभोंवतणचें वातावरण सुवासीक, सुगंधीत जाता.

गुलाबाच्या फुलांचे जायते वखदी उपेगूय जातात. जोर, दाड दुखप, तकली उसळप, पोटांतलो अल्सर ह्या दुयेंसां आड गुलाबाचो वापर करतात.

गुलाबांच्या बियांचो पिठो (चूर्ण) रगत व्हांवप, आनी चड परसा कडेन जावप हाचेर गुणकारक आसा. गुलाबाच्या फुलां पसून अत्तर काडटात. हें अत्तर काडून उरिल्ल्या उदकाक 'गुलाबपाणी' म्हणटात. गुलाबपाणी दोळ्यांत घाल्यार दोळे निरोगी उरतात. 'दोळे' येतकच दोळ्यांक थंडसाण मेळपा खातीर दोळ्यांत गुलाबपाणी घालतात. गुलाबापसून गुलकंद करतात. अनेक उश्णता विकारांचेर गुलकंद वखदी उपाय म्हूण गुणकारक आसा.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचें पयलीं जाणकाराचो सल्लो घेवचो.

**- सं.**

## पुरक नोंद : गुलकंद

**गुलाल :** तांबड्या रंगाची पूड. तांदूळ,शिरगोळा, शेड अशा जिनसांचो दळून बारीक पिठो करून त्या पिठ्यांत तांबडो रंग भरसून गुलाल तयार करता. तांदळापासून तयार केल्लो गुलाल उंचेल्या दर्जाचो आनी शेडी सारक्या जिनसांपासून केल्लो गुलाल हलक्या दर्जाचो आसता.

शिगम्या-परबेच्या काळांत, विशेश करून होळयेंत आनी धुळवडींत एकामेकांचेर गुलाल उधळपाची रीत कोंकणांत सगळें कडेन आसा. एक तर गुलालाचो सुको पिठो हातांत घेवन तो एकामेकांच्या आंगाक सारयता वा गुलालांत उदक घालून ताचो पातळ रंग करून एकामेकांचेर शिंवरायता. ते खातीर खासा तयार केल्ल्या पिचकाऱ्यांचो वापर करता. ह्या गुलाल उधळण्याक गुलालोत्सव (गुलालाचो उत्सव) म्हणटात. गुलाल लावन जातकीर मागीर लोक लागिचें न्हंयेत न्हावन घेतात.

गोंयांतल्या, जांबावलेच्या दामोदर देवस्थानांत जावपी वर्सुकी गुलालोत्सव खुपूच प्रसिद्द आसा. फाल्गुन म्हयन्यांत जावपी आठ दिसांच्या हांगच्या शिगमोत्सवांत,मंगळारा जावपी गुलालोत्सवांत, गोंयभरचे आनी विशेश करून मडगांवचे लोक व्हड संख्येन सहभागी जाता.

जांबावलेच्या गुलालोत्सवांत, मडगांवकारां खातीर खाशेलें अप्रूप आसपाचें कारण म्हणजे हो शिगमोत्सव, मडगांवच्या मठग्रामस्थ हिंदू सभा हे संस्थेचे वतीन आयोजीत जाता. जांबावलेच्या ज्या दामोदर देवस्थानांत हो उत्सव जाता तो देव मुळचो मडगांवचो आसा. पुर्तुगीजांचे बाटाबाटिच्या काळांत, मडगांवतल्या दामोदराच्या लिंगाचो एक कुडको व्हरून त्या काळांत सुरक्षीत अशा जांबावलेच्या वाठारांत थंयच्या श्री रामनाथ देवाच्या सान्निध्यांत स्थापीत केलो. मुळचो मडगांवचो दामोदर (मडगांवकारांचो दामबाब) जांबावले स्थापीत जाल्ल्यान मडगांवकारांचें आनी जांबावलेच्या दामोदराचें हें अशें भावनीक अतूट नातें जमलां.

जांबावलेच्या शिगमोत्सवांतल्या आठ दिसांच्या विविध धार्मीक तशें सांस्कृतीक कार्यावळीं मदीं मंगळारा जावपी गुलालोत्सवाचें व्हड आकर्शण आसता. त्या दिसा पयलीं पालखेंतल्या दामोदर देवाचे मुर्तीक पयलीं गुलाल लावन उपरांत जमिल्ले सगळे दादले तशीं बायलां एकामेकांक गुलाल लावन सगळो परिसर गुलालमय असो लाल-लाल जाता. उपरांत सगळेजाण, लागींच आशिल्ले कुशावती न्हंयच्या पाणट्यार वचून न्हांवन घेतात.

कोंकणांत शिगम्या-परबेचे धुळवडींत वा धूळपेटींत ुलाल लावपाची रीत आसल्यान धूळ (मातयेची पूड) ानी गुलाल (मातये रंगाची पूड) हांचो लागिंचो संबंध ागता. आदीम काळांत, मनशाचे अप्रगतीक वेवस्थेंत, मीक रितीन उपलब्ध आशिल्ले धुळिचो वापर जातालो ावंये. उपरांत ताचे प्रगतीक काळांत धुळीपरस बरो ासो शेडिचो रंग वापरांत हाडला आसूं येता. आनी ाच्याय फुडें वचून उपरांत मानवनिर्मीत असो गुलाल यार जाला आसूं येता.

मुळांत जमनीवयली धूळ आंगांक माखपा ाटल्यानय वैजकी उपचाराचो ('Soil therapy') दृदेश आसूं येता. आनी गुलाल ही ताची विकसीत वस्था जावं येता.

शिगमोत्सवांतल्या गुलालोत्सवा फाटल्यान धार्मीक ानी सामाजीक संदर्भ उरता. पूण हालींसरा, राजकीय ंचणुकेंतलें जैत मनोवपाच्या वेळारय गुलालाचो वापर ावंक लागला.

\- सं.

**पुरक नोंद : दामोदर संस्थान**

**गुळवेल :** (मराठी : गुळवेल, हिंदी :गुलंचा, संस्कृत :अमृतवल्ली, कन्नड :उगळी ळ्ळी, गुजराती : गुळो, इंग्लीश : हार्टलीव्हड मूनसीड, लॅटीन : टिनोस्पोरा कॉर्डिफोलिया, कूळ : मेनिस्पर्मेसी)

एक वखदी वाल वनस्पत. ती झाडाच्या आदारान ्ययर सरता. तिचीं पानां काळजा आकाराचीं आशिल्ल्यान ीं पिंपळा पानां सारकीं दिसतात. हिच्या खोडाक मोटाय ा दाटसाण आशिल्ल्यान ती हेर झाडांचेर चडटा. आंब्याच्या झाडाक जशीं फुलां फुलतात, तशींच हिकाय फुलां फुलतात. तीं पाचव्या, हळडुव्या रंगाचीं आसतात. हिका फळांय लागतात. तीं गोल आसतात आनी पिकतकच तीं तांबड्या रंगाचीं जातात. हे वालिचें खाशेलेपण म्हणजे तिका मदल्यान आडवी कातरतकच रोदां भशेन (सुता भशेन) गोलाकृती आसता. गुळवेलीक 'गुळेल' ह्याय नांवान पाचारतात. तिच्या वखदी गुणांक लागून तिका अमृतवाल म्हणटात.

गुळवेल ही वखदी आशिल्ल्यान ती कोंकणांत चड करून पोरसांत रोयतात.

तिचीं पानां आनी कांड हांचो वखदांत उपेग करतात.

जोर आयल्यार मुखेलपणान 'गुळवेलिचें सत्व' करून पिवपाक दितात. हाका गुळवेलिचो रोस अशेंय म्हणटात. हो रोस 2-2 चमचे घेत जाल्यार गुणाक पडटा. फिग्दाचें कार्य इबाडत, पिंत्ताचो त्रास आसप वा कामीण आसत तर हें सत्व साकरे वांगडा घेतात. गोडेंमुताची पिडा आसत तर हें सत्व पोन्या म्होंवा वांगडा घेतात. आमवात आसत तर ताचो काडो सुंठी वांगडा घेतात.

वराह जोर (Swine flue) सारक्या जिवाणू पसून जावपी पिडा हाचेर गुळवेलिचो रोस वा 'गुळवेल सत्व' वा 'गुडूची सत्व' हें उपेगी थारता.

गुळवेलिचें सत्व करपाची रीत अशी आसा : ताज्या गुळेलिचें कांड बारीक कुडके करून धोडावचें. बारीक जातकच तातूंत उदक घालून ताचो चोथो धवळून भायर उडोवचो आनी उरिल्लो गाळ निवळूंक दवरचो. वयलें उदक सवका (ल्हव ल्हव) गाळून घेवचें वा उडोवचें. तळांतलो उरिल्लो धवो सार सुकोवन दवरचो. तयार करून दवरिल्ल्या गुळवेलिच्या सत्वाचो उपेग जाय तेन्ना करचो.

गुळवेलिचीं पानांय उपेगी पडटात. 'गुळेल सत्व' वा चूर्ण बाजारांत सहजतायेन मेळटा.

ल्हान भुरग्यांक दंताचो (worms) त्रास आसताच. दंत परत परत चाळवता तेन्ना गुळवेलिचो रोस पिवपाक दिवपाक जाय. अशें केल्ल्यान दंत उणें करपाक मजत करतात. सदांच म्हयनोभर गुळेलिचो रोस काडून सकाळीं उपाशी पोटार 4-4 चमचे घेवचे. अशें केल्ल्यान कुडींत बदल मेळपाक मजत जाता.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो घेवचो.

- **सं. मं.**

**गूड फ्रायडे :** किरिस्तांव लोकांचो म्हत्वाचो असो एक पवित्र दीस. हाका पवित्र शुक्रार म्हणटात. ह्या शुक्रारा दिसा रोम गव्हर्नर पाँटीअस पिलेट हाच्या आदेशा वयल्यान ख्रिस्ती धर्माचो संस्थापक आनी प्रवर्तक येसू ख्रिस्त हाका जेरूसलेम हांगच्या माऊन्ट कॅलव्हरी हे दोंगुल्लेर खुरसार मारिल्लो. लँटच्या चाळीस दिसांच्या उपासाच्या उपरांत येता तो शुक्रार (लँट उपरांत आनी ईस्टरा पयलीं) पवित्र शुक्रार मानतात. हाका निमाणो शुक्रार अशेंय म्हणटात.

'देवराज्य' हे येसू ख्रिस्ताचे धार्मीक संकल्पनेचो धसको घेवन, ह्या दिसा रोमन साम्राज्यान धर्म प्रवर्तक येसू ख्रिस्ताक जिवो मारपाचें कर्म केलें. ताका मारपा खातीर



खुर्सार मारिल्लो जेजू

लांकडाचो खुरीस उबो करून, ताचेर येसूच्या हातापायां खिळे मारून ताका खुरसार खिळायलो. ताचो त्या खुरस अंत जातकच ताच्या शिश्यांनी ताची कूड एका थड्यां बंद केली. हे घडणुकेचे तिसरे दिसा म्हणजे ईस्ट आयताराक, येसू पर्थून जिवो (पुनरूत्थान) जालो अ मानतात. म्हणून गूड फ्रायडे हो दुख्खाचो आनी ईस्टर ह खोशयेचो दीस म्हणून क्रिस्तांव मनयतात.

गूड फ्रायडेक उपास करतात आनी ईस्टराक बरीं ब खाणां खातात. तांचे खातीर हे दोनूय दीस पवित्र आसात.

गूड फ्रायडे दिसा क्रिस्तांव लोक इगर्जेंत वचून येसूच्य देवपणाचें मीस आयकतात. कांय कडेन येसूक खुरसा मारिल्ल्याचो देखाव करतात आनी उपरांत खुरसा मारिल्ल्या येसूचे मूर्तेची मिरवणूक काडटात. अशे मिरवणुकेंत कांय कडेन भावीक तो खुरीस आपल्य खांदार घेवन मिरवणुके वांगडा चलतात.

येसूक खुरसार मारिल्ल्या दिसाची आनी ते घडणुकेचं याद म्हणून हो दीस मनयताना, येसून मनीस कुळयेच्य स्वातंत्र्या खातीर आनी कल्याणा खातीर केल्ल्य त्यागाची, भोगिल्ल्या यातनांची, दाखयल्ल्या संयमाची मोगाची तशेंच दुस्मानाक लेगीत भोगसुपाची येसूचं शिकवण आपल्या जिवितांत आचरणांत हाडपाची प्रेरण हो दीस दिता अशी भाविकांची स्रद्धा आसा.

- **सं.**

**पुरक नोंद : 1) ईस्टर, 2) ख्रिस्त येसू**

**गेट वे ऑफ इंडिया : पळयात → मुंबय**

**गेडें फाडें : पळयात → गडें फाडें**

**गेरसप्पा : पळयात → गिरसप्पा**

**गेळफळ :** हिंदी : मैनफळ, कन्नड : केरिगिड गुजराती : मिंधोला, संस्कृत : मदन, इंग्लीश

ग्रमिटिक नट, लॅटिन : रँडिया ड्युमेटोरम

सुमार 9 मी. उंच आनी 90 सें. मि. घेराची कांटेरी नस्पत.

गेळिचीं पानां सादीं, ल्हान, एकामेका सामकार मात्शी द. गुळगुळीत, लवदार आसता. एकोडीं मध्यम ाकाराचीं वासाळ अशीं फुलां जाता. नोव्हेंबर - मार्च ःयन्यांत फळां लागतात. हीं फळां पयलीं धवीं आनी ागीर पिकल्या उपरांत हळडुवी जातात. पिकिल्ल्यां ळांक 'मेणफळां' अशें म्हणटात. फळां विखारी ासतात.

मनशाक गेळिचो कांटो लागल्यार विखार जावपाची क्यताय आसता. नुस्तें धरपा खातीर वा गरोवपा खातीर ाड करून कोळी लोक गेळफळांचो पिठो करून व्हाळांत डयतात. हो विखारी पिठो खावन नुस्तें मरून पडटात. ारवांक हुल्को जाल्यार गेळफळां उदकांत धाडावन उदक ारवांचेर शिंपडायतात.

पावसाच्या दिसांनी कड्डुणाक किडी लागच्यो न्हय हूण कड्डुणात गेळफळां दवरतात.

कफवात आसलो जाल्यार गेळफळाचो पिठो उदकांत ोळोवन पोटांत घेतात. गालगुटां आयल्यारूय गेळफळ नबाच्या रोसांत उकडून लायतात. उयो जाल्यार तांकां ारपा खातीर गेळफळाचो रोस माथ्याक लायतात. हाची ानां खावड म्हूण जनावरांक घालतात. वखदी उपाय रचे पयलीं जाणकाराचो सल्लो घेवंचो.

शेताची आयुधां तयार करपाक ह्या झाडाच्या ांकडाचो वापर करतात. दातोण्यो, हात बडयो, सत्रेचे ांडे आदी वस्तू करपाक ह्या झाडाच्या लांकडाचो उपेग रतात. चवथीक मोटोळेक गेळफळां बांदतात.

- सं. मं.

**गोकर्ण : 1 (वनस्पत) :** (मराठी : गोकर्ण, हिंदी : अपराजिता, ाुजराती : कोयला, संस्कृत : गिरिकर्णिका, इंग्लीश : बटरफ्लाय पी, लॅटीन : क्लिटोरिया टर्नेटिया)

वर्सभर जियेवपी एक वाल. तिचीं पानां एक - संघ आनी पांच सात दलाचीं आसतात. फुलां सादारण व्हड एकटुकीं, पानांचे खाचींत फुलतात. हीं फुलां जून ते जानेवारी ह्यां म्हयन्यांत फुलतात. गोकर्ण म्हणल्यार गायेचो कान. गायेच्या काना सारकी आशिल्ली फुलांची व्हडली पाकळी गडद निळ्या रंगाची आसता. देखून तिका 'गोकर्ण' हें नांव पडलां आसूं येता. हे वालीक चिडकेमिडके भशेन लांब सांगो येतात. तातूंत पांच ते धा वाटकुळ्यो लांब आनी सादारण थपकट्यो बियो आसतात. कांय कडेन धवे गोकर्ण वेलिचो प्रकार दिश्टी पडटा जाल्यार कांय कडेन गोंडी गोकर्ण (पांच पाकळ्यो आशिल्ल्या फुलांची वाल) दिश्टी पडटा.

ही वाल खंयच्याय प्रकारचे जमनींत जाता. तिची लागवड बियांपसून जाता. मृग नक्षत्राच्या सुमाराक जमीन खणून बियो घालतात. बी किल्लून येतकच 6-7 सप्तकांनी वालीक फुलां येवंक लागतात. ही वाल कोंकणांत चड करून सगळे कडेन पळोवंक मेळटा. जायत्या वेळा तिका आड्यांचेर वा पोरसांत सोबे खातीर लायतात.

हे वालिचीं मुळां शितळ, कोडू, मूत निवळ करपी, जंतूंचो नाश करपी, तेचपरी हातांचेर आनी पायांचेर जाल्ल्या रोगांचो नाश करपी आसतात. धवे गोकर्णीच्या मुळांचो रोस तकली उसळटा तेन्ना (अर्धशिशी), नाक पुडयेंत घाल्यार चड तेंपाचे खोकलेचेर उपायकारक थारता. पानां थंड उदकांत भिजोवन काडिल्लो अर्क घायांचेर लायतात. भाजिल्ल्यां बियांचो पिठो नेत्ररोग, ताळो कुसकुसप आनी कातिच्या दुयेंसाचेर उपेगी पडटा. वयले वखदी उपाय करचें पयलीं योग्य जाणकाराचो सल्लो घेंवचो.

- सं. मं.

**गोकर्ण : 2 (तिर्थस्थळ) :** कर्नाटक राज्याच्या उत्तर कानडा जिल्ल्यांतल्या कुमठा तालुक्यांतलें एक नामनेचें



तिर्थक्षेत्र. दर्या देगेर, कारवार सावन सुमार 36 कि.मी. अंतराचेर, गोकर्ण आसा. गोकर्णाची गणना भास्करक्षेत्रांत जाता. रामायण, महाभारत, भागवतपुराण आनी शिवपुराण ह्या ग्रंथांनी गोकर्णाचो उल्लेख आयला. 'गोकर्णमाहात्म्य' नांवाचो एक स्वतंत्र ग्रंथ आसा. हांगाच्या महाबळेश्वराच्या देवळांतलें लींग हे शिवाचें आत्मलिंग आशिल्ल्यान पुर्विल्ल्या काळा सावन तें नामनेक पावलां. रावणान हांगा तप केल्लें. इंद्रान आपलीं पातकां धुवपा खातीर गोकर्णाक अनुश्ठान केल्लें. बलरामान गोकर्णाक तिर्थयात्रा केल्ली. नारद, सनत्कुमार, प्रल्हाद, शंकराचार्य ह्यो विभुती ह्या क्षेत्रांत येवन गेल्यात, अशें म्हणटात.

गोकर्णक्षेत्राची निर्मिती कशी जाली, ताचेर एक कथा प्रचलीत आसा ती अशी :

रावणाचे आवयन रावणाक सांगलें, 'कैलासाक वच आनी म्हादेवा कडल्यान ताचें लिंग मागून हाड'. तेखातीर रावण हिमालयांत गेलो आनी खर तपाक बसलो. महादे ताचेर प्रसन्न जालो. रावणाचे मागणेप्रमाण ताणें आप काळीज चिरून आत्मलिंग काडलें आनी तें रावणा दिलें. रावण तें घेवन लंकेक वचपाक गेलो. महादेव आपलें आत्मलिंग रावणाक दिल्ल्यान त्रिभुवनांत सग कडेन बोवाळ जालो.

तें लिंग लंकेंत पावचें न्हय म्हूण देवांनी एक क रचलो. तांणी तेखातीर गणपतीक नेमलो. रावण लि घेवन गोकर्णाक पावलो, तेन्ना तिळसांज जाल्ली. आत संध्यावंदन करून वरूणाक अर्ध्य दिवपाचें, पूण जमनी दवरल्यार आत्मलिंग घट जाता म्हूण कोणाच्या त हातांत तें दिवपाक जाय, अशें रावण चिंततालो. गणपती ही संद सादली आनी गोरवांचो राखणो जावन थं पावलो. ताका पळोवन रावणान म्हणलें, 'थोडो वे मात्शें हें लिंग सांबाळ'. राखण्यांन म्हणलें, 'सांबाळट पूण जड जालें जाल्यार हांव लिंग सकयल दवरतलों ताचेर रावणान म्हणलें, 'लिंग सकयल दवरचे पयल म्हाका तिनदां उलो मार'. राखण्यान तें मान्य केलें. राव संध्या करपाक गेलो. ताणें आचमनाक सुरवात केल्य मात, राखण्यारूपी गणपती कडसून पयलो उलो आयलो अघमर्षण जाता थंय आसा दुसरो आनी अर्ध्य घेवपा तिसरो उलो आयकूंक आयलो. संध्या सोंपताच राव धांवत वचून पळयता जाल्यार राखण्यान तें आत्मलिं जमनीर दवरलां. रावणान आपल्या वीस हातांनी त हुमटुपाचो यत्न केलो. पूण ताचे कुडकेच आयले. लिं मात जाग्या वयल्यान हाल्लें ना. रावण थकलो. ताणें तिडकिचे भिरकेंत राखण्याचे तकलेर एक मूठ मारली पूण लिंग मात थंयच सासणाचें प्रतिश्ठित जावन उरलें.

गोकर्ण ह्या नांवा फाटल्यान आनीक एक कथा आस ती अशी :

ब्रह्मदेवान महादेवाक सृश्ट निर्माण करपाक सांगलें खूब दीस जावन गेले तरी महादेवान तें काम केलेंना देखून ब्रह्मदेवान स्वताच पृथ्वी तयार केली. ताका लागू महादेवाक राग आयलो आनी तो उदकांतल्यान वयर

ान पृथ्वीक धक्के मारपाक लागलो. पृथ्वीन गायेचें रूप ·रण करून महादेवाक विनंती केली की, 'म्हाका धक्के ·रून म्हजो असो छेद करूं नाका. म्हज्या कानांतल्यान ·यर यो'. तेप्रमाण म्हादेव त्या गायेच्या कानांतल्यान ·ट जालो. ज्या जाग्यार हें घडलें, त्या जाग्याक ·कर्ण' (अर्थ - गायेचो कान) अशें नांव पडलें.

· गोकर्णाचे अस्तंते वटेन दर्या आसा. हे दयदिगेर रावन ·वार नदर घाली जाल्यार गांवाचो आकार गायेच्या ·नाभशेन दिसता. देखून, ह्या गांवांक 'गोकर्ण' अशें नांव ·डलें, अशी आनीक एक आख्यायिका आसा.

स्कंद पुराणांतल्या बह्योत्तर खंडांत (2.81-84) ·कर्ण - माहात्म्य सांगलां तें अशें :

**·णु राजन् महाभाग क्षेत्रमन्यत् प्रतिष्ठितम् ॥**
**·हापातकसंहारि गोकर्णाख्यं मनोहरम् ।**
**·त्र स्थितिर्न पापानां महद्भ्यो महतामपि ॥**
**·तो ह्यशेषपापघ्नो यत्र सन्निहितः शिवः ।**
**·था कैलासशिखरे यथा मन्दारमूर्धनि ॥**
**·वासो निश्चितः शम्भोस्तथा गोकर्णमण्डले ।**

अर्थ : महाभग राजा, आयक - गोकर्ण नांवाचें ·बीत, सुंदर आनी म्हापातकांचो नाश करपी एक ·मनेचें क्षेत्र आसा. ते सुवातीर मोट्यांत मोटें पातक ·गीत धुवन वता. कारण थंय पापांचो संहार करपी म्हादेव ·त्यक्ष रावता. जे भशेन कैलास आनी मंदार ह्या पर्वतांचेर ·हादेवाचो राबितो आसता. तेचभशेन तो गोकर्ण क्षेत्रांतूय ·ासा, अशें म्हणटात.

गोकर्णाविशींचो पयलो इतिहासीक आनी विश्वसनीय ·ल्लेख इ. स. च्या 8 व्या शेंकड्यांत आयला. दुसऱ्या ·दंब राजघराण्याचो प्रस्थापक मयूर वर्मा हाणें ·ोकर्णाच्या राजकुंवराक आपली भयण दिल्ली, अशें ·ातूंत म्हणलां. इ. स. 1508 वर्सा विजयनगरच्या ·ृष्णराय ह्या सम्राटान गोकर्णाची भोंवडी करून थंय ·ापली सुवर्णतुला केली, अशें एका पुर्तुगेज लेखकान ·रोवन दवरलां. इ. स. 1665 वर्सा छत्रपती शिवाजी ·हाराजान गोकर्ण क्षेत्राक भेट दिल्ली, असो एक उल्लेख आसा.

हांगाच्या महाबळेश्वर देळांतलें आत्मलिंग भूंयगत आसा. पिंडिचे मदीं एका खळग्यांत आंगुळभर लांब आनी तितलेंच ऊंच अशें हें आत्मलिंग आसा. चाळीस वर्सांनी एकदां हांगा 'अष्टबंध' उत्सव जाता. त्या वेळार वयली पिंडी काडून त्या जाग्यार नवी पिंडी बसयतात. पिंडी काडटकच जमनिंतलें गुप्त शिवलिंग पळोवपाक मेळटा. ताचेर रावणाच्या बोटांचे ठशेय दिसतात, अशें म्हणटात. दर उमाशेक आनी सोमप्रदोषाचे रातीक हांगा दिवाळेभशेन फोग लायतात. माघ वद्य दशमी सांवन फाल्गुन शुद्ध द्वितीयेमेरेन चलपी उत्सवांतलो 'महाशिवरात्र' हो खास महोत्सवाचो दीस हांगा व्हड उमेदीन मनयतात.

महाबळेश्वर मंदिराची बांदावळ द्राविड पद्दतिची आसून तें बारा ज्योतिर्लिंगातलें एक लिंग जावन आसा. ह्या देवळाची गर्भकूड व्हडली आसून सोबीत सभामंडप आसा आनी थंय ब्रह्मा, विष्णू, महादेव, अगस्ती, राम,रावण, ताम्रगौरी, गणपती ह्या देवांचीं ल्हान देवळां आसात. तेचप्रमाण कोटितीर्थ नांवाचें एक व्हड कुंड आसा. शिखर सुमार 60 फूट उंचायेचें आसा आनी सभामंडप 60 X 40 फूट इतलो आसा. सभोंवतणी अगरसाळ आसा. हें देवूळ जक्कणाचार्य नांवाच्या वास्तूशास्त्रज्ञान बांदलां अशें म्हणटात.

ज्या दोंगराच्या मुळसाक गोकर्ण वसलां, त्या शतशृंग दोंगराचेरूय ऋषी -मुनींची तपस्थानां आसात.

**- सं. मं.**

**(श्री) गोकर्ण पर्तगाळी जिवोत्तम मठ :** एक वैष्णव संप्रदायी द्वैतमतवादी धर्मपीठ. हें धर्मपीठ गोंयांतल्या काणकोण तालुक्यांतल्या पर्तगाळी वाठारांत आसा. पूण ह्या धर्मपिठाच्या मूळ मठाची स्थापना दक्षिण कर्नाटकांत भटकळ हांगा केली. श्रीमदनारायणतीर्थ स्वामी हाणें उडुपी हांगा जे आठ मठ स्थापन केल्ले, तातुंतल्या फलमार मठाचो धावो आचार्य श्रीरामचंद्रतीर्थ हाणें गौड सारस्वत ज्ञातींतल्या माधव

नांवाच्या एका ब्रह्मचाऱ्याक 1398 त चैत्र शुद्ध द्वितीये दिसा दिक्षा दिली. होच श्रीमदनारायणतीर्थ. भटकळ हांगा जंय ताणें मठ स्थापन केल्लो थंयच गोपीनाथ न्हंयेचे देगेर ताची समाधी आसा. कर्नाटक राज्याच्या तेन्नाच्या राजान नारायणतीर्थ स्वामीक 'वडेर' हो भोवमानाचो किताब दिल्लो. मठाच्या सगळ्यां स्वामींक श्रीपादवडेर स्वामी अशा आदरान पाचारतात. ताचे उपरांत ताचो शिश्य श्रीवासुदेवतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक करपांत आयलो. हाची कारकिर्द थोड्याच काळाची. ताणें शके 1439 त श्रीजिवोत्तमतीर्थ हाका आश्रम दिलो. उपरांत तो तीर्थयात्रेक गेल्ले कडेन ताणें भिमा न्हंयचे देगेर पंढरपूर क्षेत्रीं समाधी घेतली. श्री वासुदेव तीर्थाक लोक तंगळवडेर ह्या नांवानय वळखताले. श्रीजिवोत्तमतीर्थ हो मूळचो बसरूर हांगासल्लो. ताणें आपलें पुराय जिवीत लोकांक आपलें गिन्यान आनी याग सामर्थ्याचो प्रत्यय हाडून दिवपांत सारलें. ताणें तीर्थयात्रेच्या निमतान भारतभर भोवंडी केली. ताचे उत्तर दिकेचे भोवंडेवेळार शिला न्हंयेंत न्हावपाक गेल्ले कडेन ताका दिग्वीजय विठ्ठल, भूविजय विठ्ठल आनी वीर विठ्ठल असो तीन धातुमूर्ती मेळ्ळ्यो. गोकर्ण हांगा येतकच थंय कोटितीर्थां लागसार ताणें इ. स. 1500 त. उपमठ बांदलो आनी शिला न्हंयेंत मेळिल्ले भूविजय विठ्ठल मुर्तीची स्थापना केली. उपरांत ताणें दुसरो उपमठ बसरूर हांगा बांदून तातूंत दुसऱ्या दिग्वीजय विठ्ठलाची मूर्त स्थापन केली. तिसरी वीर विठ्ठलाची मूर्त ताणें आपली इश्टदेवता मानून स्वताच्या देव्हाऱ्यांत (भटकळ) दवरली. हे मुर्तीची पुजा तो स्वता करतालो.



गोकर्ण पर्तगाळी जिवोत्तम मठ, काणकोण - गोंय

तेन्नाच्यान हे वीर विठ्ठल मुर्तीची पुजा पिठाधीशानी करपाची चाल पडली. अध्यात्मविद्येंत ताचो खूब व्ह अधिकार अशिल्लो. तीर्थयात्रा करता आसतनाच ता स्वधर्माचो प्रसार केलो. गोकर्ण, बसरूर हांगा मठस्थापन करून भटकळ हांगाच्या मुखेल मठाचो विस्तार केलो.

आपले तीर्थयात्रेचेर ताणें 'तीर्थवेळ' नांवाचें काव्य बरयल्लें आसा. जिवोत्तम स्वामीच्या व्हड योगदानावरव ह्या मठाची प्रगती जाल्ल्यान ह्या मठाच्या नावांन जिवोत्तम हाचें नांव आयलां. श्रीजिवोत्तमतीर्थाच्य महनिर्वाणाउपरांत श्रीपुरूषोत्तमतीर्थ हाचो शके 151( वर्सा पट्टाभिशेक करपांत आयलो. ताणें 'कर्मसिद्धांत' हे ग्रंथ बरोवन नित्यनैमेत्यिक आनी श्रौतस्मार्त कर्माक म्हत्व दिलें. ताणें 'संन्यास पद्दती' नांवाचो आनीक एक ग्रंथ बरयलो. श्रीगोकर्ण क्षेत्रारच ताणें समाधी घेतली.

श्रीपुरूषोत्तमतीर्था उपरांत ताचो शिश्य श्री अनुजिवोत्तमतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक जालो. ताणें 1510 - 1560 अशीं पन्नास वर्सां मठाचो कारभार पळयलो. ताचे

रकिर्दीतलें सगळ्यांत म्हत्वाचें कार्य म्हळ्यार ताणें
गांत दिवचल हांगा स्थापन केल्लो मठ. गोंयांत ताणें
णव संप्रदायाचो खूब प्रसार केलो. फुडे शके 1560 त
णें दिवचल हांगा समाधी घेतली.

उपरांत श्रीगोकर्ण मठाचो सवो आचार्य श्रीरामचंद्रतीर्थ
चो पट्टाभिशेक जालो. ताणें 27 वर्सां संस्थानाचो
रभार पळयलो. ताचे कारकिर्दीतलें म्हत्वाचें कार्य
ळ्यार गोंयांतल्या पर्तगाळी मठाची स्थापना. एक दीस
चे आदेशा प्रमाण श्रीरामचंद्रतीर्थ स्वामी गोकर्ण
ाच्या मठालागसार खणकाम करता आसतना ताका
न श्रीराम, लक्ष्मण, सीता आनी हनुमंत अशो चार मूर्ती
ळ्यो. ह्या मुर्तींची स्थापना खंय करची ह्या विचारांत
सतना स्वामीक त्यो मुर्ती घेवन उत्तर दिके वटेन वच
नी ज्या जाग्यार पावतकच मुर्ती जड जाल्यात अशें
मतलें त्या जाग्यार ह्या मुर्तींची स्थापना कर असो
टांत जालो. तेप्रमाण ह्यो मुर्ती घेवन स्वामी उत्तर दिकेक
ळ्यार गोकर्णाच्यान कारवार मार्गान माशें गांवच्यान
ीण हांगा आयलो. थंय ताका शिलामुर्ती जड जाल्यात
शें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर जाग आयली तेन्ना ताका मुखार
य उबी आशिल्ली दिसली. तिची पुजा करून स्वामीन
र्ती स्थापनेचे जागो दाखोवपा विशीं तिका विनयलें. तेन्ना
य रानांतल्यान उत्तर दिकेवटेन गेली आनी फुडें
शावती न्हंयचे पवित्र भूंयेचेर तिणें एके सुवातेर आपल्यो
दाच्यो धारो सोडल्यो. स्वामीन तेच सुवातेर राम,
क्ष्मण, आनी सिता ह्या तीनय मुर्तींची स्थापना करून
य मठ बांदलो. गाय परत चलूंक लागली, ती बद्द
द्याच्या रिवण (ऋषीवन) ह्या गांवांत येवन उबी रावली
ानी तिका परत पान्हो फुटलो. हनुमानाची मुर्तीय जड
ाली. त्याच जाग्यार स्वामीन देवूळ बांदून मठाची
थापना केली. फुडें श्रीरामचंद्रतीर्थ वृन्दावनस्थ जातकच
ाचो शिश्य श्रीदिग्वीजय रामचंद्रतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक
ालो. ताणें पर्तगाळी मठांत रघुचंद्रतीर्थ ह्या आपल्या
शिश्याक आश्रम दिलो. पर्तगाळी मठांत श्रीराममुर्तीची
स्थापना जाली आनी तेन्नासावन रामनमीचो उत्सव सुरू
जालो. ह्या उत्सवा खातीर श्रीरामचंद्रतीर्थान व्हड रथ
तयार करून घेतिल्लो. रामनमीचे राती ह्या रथांतल्यान
रामाची मिरवणूक काडटाले. ह्या उत्सवांत गरूडपूजन,
ध्वजारोहण, दंडबाळी, होमहवन आदी कार्यक्रमय
जावंक लागले.

फुडें श्रीरघुचंद्रतीर्थ ह्या शिश्याक दीक्षा दिवन
श्रीरामचंद्रतीर्थ अंकोल्याक गेलो. थंयच ताचें महानिर्वाण
जालें. उपरांत श्रीरामचंद्रतीर्थाचो एक शिश्य श्री
लक्ष्मीनारायण हाचे कडेन मठाचो कारभार दिवन श्री
रघुचंद्रतीर्थ होनावर हांगा गेलो आनी थंयच ताणें समाधी
घेतली. ताचे उपरांत श्रीलक्ष्मीनारायण तीर्थ हाणें शके
1601 सावन मठाचो कारभार पळोवंक सुरवात केली.
हाणें मठाच्या कारभारांत जायत्यो सुदारणा घडोवन
हाडल्यो. कांय जमनी घेतल्यो आनी मठाचें उत्पन्न
वाडयलें. ताणें कांय मठांचो जिर्णोद्धार केलो. ताच्या
उपरांतचो पिठाधीश श्रीलक्ष्मीकांततीर्थाचे कारकिर्दीत
पर्तगाळी संस्थानाक जमनिच्या रूपान जायत्यो देणग्यो
मेळ्ळ्यो आनी मठाची अर्थीक स्थिती बरीच सुदारली.
ह्या आचार्या उपरांत ताचो शिश्य श्री रमाकांततीर्थ हाणें
मठाचो कारभार पळयलो. ताच्या महानिर्वाणा उपरांत
श्रीकांततीर्थान मठाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं आनी
मठपरंपरा फुडें व्हेलीं. श्रीकांततीर्था उपरांत ताचो शिश्य
श्रीभूविजय रामचंद्रतीर्थ हाणें शके 1700 पसून मठाचो
कारभार पळोवंक सुरवात केली. ह्या स्वामीन मठाक
नेमान येवपी उत्पन्न तयार करून दवरलें. ताचे उपरांत
ताचो शिश्य श्रीरमाकांततीर्थ हाणें मठाचो कारभार
पळयलो. ताची शापानुग्रह समर्थ म्हूण नामना आशिल्ली.
पर्तगाळीमठ पोर्तुगेजांच्या अमलाखाल आशिल्लो. ताचे
उपरांत ताचो शिश्य श्रीलक्ष्मींकांततीर्थ हो पीठाधीश
जालो. त्यावेळार तो सामकोच ल्हान आशिल्लो. व्हड
जातकच ताणें जायत्यो तीर्थयात्रा केल्यो. तो चडसो
बडोद्यांतच आसतालो. थंच ताणें समाधी घेतली. ताणें
गोकर्णाच्या नव्या मठाचो जिर्णोद्धारय केलो आनी

मठामुखार मारूतीचें ध्वजगोपुरूय बांदलें.

ताच्या उपरांत ताचो शिश्य श्रीआनंदतीर्थ पिठाधीश जालो. ताणें मठाखातीर जायत्यो जमनी विकत्यो घेतल्यो आनी मठाचे अर्थीक स्थितींत सुदारणा केली. पर्तगाळी मठाचे अर्थीक स्थितींत सुदारणा केली. पर्तगाळी मठाचो ताणें जिर्णोद्धार केलो. मठाच्या आंगणांत मारूतीची गुडी उबारली. पैंगीण हांगाच्या परशुरामाच्या देवळाचो घूड बांदपाक ताणें म्हाजनांक आदार दिलो. शके 1745 वर्सा ताणें एक टको तयार केलो जो, पैंगीण हांगाच्या बेताळ देवालयाच्या उत्सवावेळार वाचपांत येता. श्रीआनंदतीर्थ समाधीस्थ जातकच श्रीपर्णप्रज्ञतीर्थ हाचो पट्टाभिशेक करपांत आयलो. ताणें सुमार पन्नास वर्सां मठाचो कारभार पळयलो. ताणें माध्वचार्याच्या ब्रह्मसुत्रांचो तेचपरी हेर ग्रंथांचोय भरपूर अभ्यास केलो. आपलो जायतो काळ ताणें विद्यादानांत सारलो. ताची विद्वत्ता आनी अनासक्ती पळोवन काशीच्या विद्वानांनी ताका मानपत्रां दिल्लीं. शके 1761 वर्सा ताणें गोकर्ण मठांत श्रीपद्मनाभतीर्थ हाचो शिश्य म्हूण स्विकार केलो. गुरू तीर्थयात्रेक वतालो तेन्ना शिश्य श्रीपद्मनाभतीर्थ पर्तगाळी मठाचो सगळो कारभार पळयतालो. ताणें न्याय, तर्क, व्याकरण आदी विशयांचो भरपूर अभ्यास केल्लो. ताणें संस्थाना खातीर जायत्यो जमनी मेळयल्यो आनी संस्थानाची आर्थीक बसकण घट केली. ताचे उपरांत ताचो शिश्य श्रीइंदिराकांत हाचो काळ म्हळ्यार गोकर्ण पर्तगाळी मठाचे कारकिर्दीतलो भांगराकाळ म्हणप जाता. पिरायेच्या 15व्या वर्सा ताका आश्रमदिक्षा दिवपांत आयली. ताणें वेद, वेदांगां, काव्य, व्याकरण, साहित्य, न्याय, मिमांसा आनी दर एक शाखेचो खोलायेन अभ्यास केलो. गीता आनी ब्रह्मसुत्रां हांचोय ताणें अभ्यास केल्लो. खंयच्याय विशयाचेर उलोवपांत, प्रवचन करपांत तो तरबेज आशिल्लो. 1894 वर्सा तो पिठाधिश्ठीत जालो. उपरांत ताणें चार वर्सांनी नरहरीतीर्थ ह्या शिश्याक आश्रम दीक्षा दिली. पूण देड वर्सा उपरांत रोखडेंच ताका मरण आयलें. ताच्या उपरांत 10 वर्सांनी श्रीकमलनाथ ह्या दुसऱ्या शिश्याचो स्विकार केलो. फुडें संस्थानाचो कारभार आपल्या शिश्याव सोंपोवन ताणें उरिल्लें आयुश्य संचार करून धर्मजा करपांत खर्चिलें. दिवचल हांगाच्या अनुजिवोत्तमती स्थापन केल्ल्या मठाचो इंदिराकांततीर्थान जिर्णो केलो. ताका लेखनाचीय आवड आशिल्ली. वयल्या भाश्यांचो ग्रंथ ताणें बरयलो. हाचे भा गीतागौरव, न्यायमिमांसा, द्वैतबोधिनी अशे ग्रंथ बरयल्यात. सागरामाचार्य श्रीमत सुनीती भागवताचेर टिका बरयल्यात. शके 1864 चैत्र वद्य सप्तमी दिस समाधीस्थ जालो. श्रीइंदिराकांत समाधीस्थ जात ताचो शिश्य श्रीकमलनाथ पिठाधीश जालो. ताणें मठ जिर्णोद्धार केलो. पूण ताची कारकीर्द फकत 11म्हयने दीस इतलीच थारली. शके 1864 चैत्र वद्य 7 दिसा समाधीस्थ जालो. ताचे आदीं ताणें श्रीमद द्वारकानाथ हाचो शिश्य म्हूण स्विकार केल्लो.

श्रीमठाचो 22 वे स्वामी श्रीमद द्वारकानाथतीर्थ ह पट्टाभिशेक शके 1865 त जालो. ताणें सुमार तीस व मठाचो कारभार पळयलो. ह्या काळांत ताणें मठा कारभार चड योजनाबद्ध, सुवेवस्थीत करपा खातीर उ आंखले. तेचबराबर तशें करतना मठाची परंपरा अ मांगल्य हांकां बादा येवचिना हाची खबरदारी घेत आनी मठाच्या गौरवांत मोलाची भर घाली. पु भारतांत भोंवडी करून शिश्यवर्गाक वेळच्यावे मार्गदर्शन दिलें आनी जायत्या जिर्णोद्धाराचीं काम हातांत घेतलीं. मुंबय हांगा द्वारकानाथ भवन आ श्रीराममंदीर हीं ताचे गौरवशाली कारकिर्दीचीं स्मार आसात. दक्षिणेक, यात्रेक गेल्ले कडेन 15 मार्च 19 ह्या दिसा (फाल्गून वद्य सश्टी शके 1895) अंको हांगाच्या मठांत ताचें महानिर्वाण जालें. पर्तगाळ हांगा पीठाधीशांच्या वृंदावनां कडेन ताचें वृंदावन बांदलां.

श्रीद्वारकानाथतीर्थ हाचें महानिर्वाण जातकच 5 एप्रि 1973 ह्या दिसा विद्याधीराजतीर्थस्वामी हाणें मठाधं म्हूण सुत्रां हातांत घेतलीं. मठाच्यो जायते कडेन शा सुरू केल्यो. ताच्यान नांवान ह्या मठावतीन सारस

ाजांतले एके कर्तृत्वी व्यक्तीचो दर वर्सा 'विद्याधिराज स्कार' दिवन भोवमान करतात.

**कर्ण पर्तगाळ जिवोत्तम मठाच्यो शाखा :**

| १. | वर्स | प्रदेश | संस्थापक |
|---|---|---|---|
| | 1475 | भटकळ-कर्नाटक | नारायण तीर्थ |
| | 1475 | पर्तगाळ-गोंय | नारायण तीर्थ |
| | 1500 | बसरूर-कर्नाटक | जिवोत्तम तीर्थ |
| | 1649 | अंकोला-कर्नाटक | दिग्विजय रामचंद्र तीर्थ |
| | 1660 | मंगळूर-कर्नाटक | रमाकांत तीर्थ |
| | 1660 | होन्नावर-कर्नाटक | रामचंद्र मल्ल्या |
| | 1668 | गंगोळी-कर्नाटक | नारायण मल्ल्या |
| | 1817 | वेंकटपूर-कर्नाटक | रामचंद्र क. मल्ल्या |
| | 1893 | दिवचल-गोंय | अनुजिवोत्तम तीर्थ |
| 0 | 1901 | मंकी-कर्नाटक | इंदिराकांत तीर्थ |
| 1 | 1933 | | कारवार-कर्नाटक इंदिराकांत तीर्थ |
| 2 | 1957 | | बंगळुरू-कर्नाटक द्वारकानाथ तीर्थ |
| 3 | 1963 | वास्को-गोंय | द्वारकानाथ तीर्थ |
| 4 | 1965 | वडाळा (मुंबय) | द्वारकानाथ तीर्थ |
| 5 | 1983 | | येल्लापूरकर्नाटक विद्याधिराज तीर्थ |
| 6 | 1989 | बद्रिनाथ-उ.भारत | विद्याधिराज तीर्थ |
| 17 | 1989 | | हुबळी-कर्नाटक विद्याधिराज तीर्थ |
| 18 | 1990 | बेळगांव-कर्नाटक | विद्याधिराज तीर्थ |
| 19 | | मडगांव - गोंय | विद्याधिराज तीर्थ |
| 20 | | पर्वरी - गोंय | विद्याधिराज तीर्थ |

**- सं. मं.**

**गोकुळाश्टम :** हिंदू लोकांची एक परब. श्रावण वद्य अष्टमीक ही श्रीकृष्ण देवाची



**श्रीकृष्ण जल्म सुवाळो**

जयंती (जल्म सुवाळो) म्हणून मनयता. हिका कृष्णजयंती, कृष्णाष्टमी, जल्माष्टमी अशेंय म्हणटात. श्री विष्णुचो अवतार आशिल्ल्या कृष्णाचो जल्म श्रावण कृष्ण (वद्य) अष्टमीक मध्यान रातीक जाल्लो. हो ताचो जल्मदीस मनोवपाची ही परब.

श्रीकृष्णाच्या जल्मासंबंधी कथा आसा ती अशी: कृष्णाचो मामा कंस आनी ताचे हेर साथी राजांनी आपल्या कुकर्मांनीं धर्तरेक खूप पिडापीड केल्ली. तेन्ना गायेचें रूप घेवन धर्तरी ब्रह्मदेवा कडेन गेली आनी ह्या दुश्ट राकेसरूपी राजां कडसून आपणांक सोडोवपाची तिणे प्रार्थना केली. कंसाक, तिच्या भयणीच्या म्हणजे देवकीच्या भुरग्यां कडसून, मरण येतलें अशीं आकाशवाणी जाल्ल्यान, कंसान आपली भयण देवकी आनी भावोजी वासुदेव हांकां बंदखणींत दवरून तांकां जाल्ल्या भुरग्यांचो तो जल्मतांच जीव घेतालो. भगवान विष्णून श्रीकृष्णाच्या रूपान देवकेच्या पोटांत श्रावण कृष्ण अष्टमी रातीं जल्म घेतलो. तेन्ना वासुदेवान रातोरात,

कृष्णाक गोकुळांत, नंदागेर सोडून परत बंदखणींत आयलो. अशे तरेन कंसापासून पयस गोकुळांत कृष्ण वाडूंक लागलो.

उपरांत वयांत येतकच कृष्णान कंसा सयत दुश्टांचो संहार करून धर्तरी भयमुक्त केली.

**परब-विधी :** आदले दिसा (सप्तमीक) एक भुक्त रावता. अष्टमी दिसा, सकाळीं धव्या तिळांचें कलक लावन न्हाता. संध्या बी नित्यकर्म जातकीर गोकुळाष्टम करपाक घेता. ह्या दिसा उपास करचो आसता. ताचे



धंय हंडी फोड

खातीर तांब्याच्या आयदनांत उदक घेवन सकय उपासाच्या संकल्पाचे दोन श्लोक म्हणून तें उदक जमन सोडपाचें आसता.

**श्लोक :**

**वासुदेवं समुदिश्श्य सर्वपापप्रशांतये।**
**उपवासं करिष्यामि कृष्णाष्टम्यांनभस्यहम। 1॥**
**आजन्मरणं यावद्यन्मया दुष्कृतं कृतम।**
**तत्प्रणाशाय गोविन्द प्रसीद पुरूषोत्तम ॥2॥**

अर्थ : 1) म्हजीं सगळीं पापां नश्ट जांवचीं म्हण श्रावणकृष्ण अष्टमी दिसा, वासुदेव कृष्णाक उद्देशून हा उपास धरतां

2) जल्मापासून मर मेरेन जीं हांवें वायट कर केल्यांत तीं ना करपाक हे गोविंदा, हे पुरूषोत्तमा, म्हर प्रसन्न जा.

मागीर घरांत एके बरे सुवातेर देवकीची ए बाळंतकूड करून थंय देवकीक स्थापीत करता. तिच म्हऱ्यात बाळकृष्णाची मूर्त दवरता. थंयच यशोदा, ति चली, वासुदेव, नंद, बलराम हांच्यो मुर्ती वा चि दवरता. वांगडा शस्त्रधारी राकेस, डोहांतलो कालि नाग हांच्योय प्रतिमा काडटात. हें सगळें तयार जातकी धातुची बालकृष्णाची मूर्त ताम्हणांत दवरून ताची पु मध्यानरातीक करता. निवेद्याक फराळ (फलआहार दाखयता. पुजा जातकीर अर्घ्यां दिवन प्रार्थना करत प्रार्थना अशी आसा :

**हो संसार रोगी - शोकांनी भरिल्लो आस हातुंतल्यान म्हजें रक्षण कर. भुरगेपणांत, जुवानपणां आनी म्हातारपणांत जें हावेन पुण्य केलां तें वाढय. हांवेन पाप केलां तें जळोवन उडय. तुजे बगर दुस म्हजें रक्षण करपी कोण ना.''** मागीर रातभर कथा पुराण, गायनाच्यो कार्यावळी करून रात जागयता.

दुसरे दिसा (नमीक) पारणें करता. त्या दिस पंचोपचार उत्तर पुजा करून म्हानिवेद्य अर्पण करता धातुची मूर्त देव्हाऱ्यांत दवरता. मातयेची मूर्त उदकां विसर्जीत करता.

गोकुळाष्टमीची परब भारतभर मनयता. गोकुळ, ...दावन, मथुरा, द्वारका ह्या कृष्णा संबंधीत वाठारांनी ही ...ब विशेश थाटा-माटान मनयता.

वैष्णव लोकांच्या देवस्थानांनी कृष्णलिलेचे खेळ, ...गवत पुराण वाचन, किर्तन, भजन, पालखी, ...राधना अशे उत्सव आयोजीत करतात. कोंकणांत ...ष्टमीक, कृष्णाचें आवडटें खाण आशिल्लें धंय ...रस) नावान धंय कालो करता. मडकेन धंय घालून ती ...डकी उंचायेर बांदता. लोक गोप (कृष्णाचे सवंगडे) ...वन, एकामेकांच्या खांदार उबे रावन मडके मेरेन मनीस ...नोरो उबो करता. पिरायेन ल्हान आशिल्लो एक जण ...ष्ण जावंन ह्या मनोऱ्याचेर चडून हातांनी मडकी फोडटा. ...रांत गांवचे लोक तांचेर उदकाच्यो कळशो ओतून ...कां न्हाणयता. ही मडकी-फोडची कार्यावळ हालींसरां ...रांनी खूप प्रमाणांत जावंक लागल्या. 'गोविंदा' नांवांन ...वपी हे कार्यावळिंच्यो आतां दुडवांचीं इनामां ...रिल्ल्यो सर्तीय जावंक लागल्यात. गोंयांत दिवचल ...लुक्यांतल्यान नार्वे गांवांतले न्हंयचे देगेर अष्टमीची ...त्रा भरता.

**- डॉ. अनंत रामभट**

**- सं.**

**पुरक नोंद : कालो (धंय कालो)**

**गोखले, गोपाळ कृष्ण :** (जल्म : 9 मे 1866, कोतलुक रत्नागिरी, ...रण : 19 फेब्रुवारी 1915, पुणे).

कोंकणांतलो आर्विल्ल्या भारताचो एक म्हान ...डारी, संसदपटू, राजकारणी आनी नेमस्त पक्षाचो ...ळवणदार. ताचो जल्म एका सामान्य घराब्यांत जालो. ...चें मुळावें शिकप कागल आनी हायस्कुलचें शिकप ...ल्हापूर हांगा जालें. इ. स. 1879 त ताचो बापूय भायर ...डिल्ल्यान ताचें ल्हानपण खूब गरिबींत आनी कश्टांत ...लें. 1881त मॅट्रिक पास जातकच ताणें कोल्हापूरचें



राजाराम कॉलेज, पुण्याचें डेक्कन कॉलेज, मुंबयचें एल्फिन्स्टन कॉलेज हांगा आपलें शिक्षण पुराय केलें. पिरायेच्या अठराव्या वर्सा तो गणित हो ऐच्छिक विशय घेवन बी. ए. जालो. कॉलेजांत शिकता आसतना इंग्लीश भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपा खातीर ताणें उपाट कश्ट घेतले. बी. ए. जातकच ताणें टिळक आगरकरान सुरू केल्ल्या 'न्यू इंग्लीश स्कूल' हातूंत नोकरी धरली. 1885 त फर्ग्युसन कॉलेजांत तो इंग्लीश विशयाचो प्राध्यापक जालो. फुडें ताणें अर्थशास्त्र होय विशय शिकयलो. 1887 त ताणें गणिताचें एक पुस्तक बरयलें.

1887 त न्यायमूर्ती महादेव रानडे हाच्या व्यक्तीमत्वान प्रभावीत जावन गोखले ताचो शिश्य जालो. ताचे सांगणे वयल्यान गोखले 'सुधारक' पत्राचो सहसंपादक जालो. न्या. रानडे हाचे प्रेरणेन जल्माक आयिल्ले भौशीक सभेचो चिटणीस (1887) आनी सभेच्या तीम्हयन्याळ्याचो संपादक जालो आनी फुडें 1891 त तो परिशदेचो चिटणीस तशेंच राष्ट्रसभेचो चिटणीस जालो. 1905 त पुणे नगरपालिकेचें अध्यक्षपद ताका फाव जालें. 1899 त मुंबय काऊन्सिलांत तो वेंचून आयलो. थंय ताणें दोन वर्सां काम केलें. प्रांतिक

विधीमंडळांत प्रवेश करतकच चार वर्सां भितरूच तो केंद्रीय विधीमंडळांत वेंचून आयलो. 1895 त पुण्यांत भरिल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आशिल्लो.

लोकमान्य टिळक आनी गोखले हे सुरवेक एकेच माचयेर वावुरताले. पूण 1899 त मुंबयच्या काँग्रेस अधिवेशना उपरांत दोगांयचोय मार्ग बदल्लो. टिळक जहाल राजकारणा वटेन वळ्ळो. गोखलेन लोकशिक्षणावरवीं समाजजागृती करपाचो आनी राजकी सुदारणां खातीर ज्यो सवलती मेळटात त्यो राबोवपाचो मार्ग आपणायलो.

हिंदुस्थानच्या जमाखर्चाची तपासणी करपा खातीर 1896 त वेल्बी कमिशन नेमिल्लें. वेल्बी आयोगा सारक्या म्हत्वाच्या आयोगामुखार मुखेल साक्षीदार म्हूण ताणें गवाय दिली. हिंदुस्थानांत राज्यकारभाराचो खर्च कसो वाडत चल्ला आनी ताका लागून कर वाड कशी जड जाता, हें ताणें सप्रमाण दाखयलें, आनी राजकी सुदारणांची गरज उक्तावन दाखयली. ताचे ह्या अभ्यासपूर्ण आनी मुद्देसूद साक्षीक लागून ताचें नांव हिंदुस्थानांत तशेंच विदेशांत गाजलें.

1902 त, गोखले मध्यवर्ती कायदे मंडळाचेर वेंचून येतकच ताणें अर्थसंकल्पाचेर जें उलोवप केलें, ताका लागून ताचें कर्तृत्व आनी फुडारपण देशमान्य जालें. त्या विधीमंडळांत ताणें अर्थसंकल्पाचेर बारा उलोवपां केलीं. तातुंतल्यान ताणें तेन्नाच्या भारताच्या राजकी, आर्थीक, शिक्षणीक मळां वयले विचार मांडले. भारतांतल्या शेतकामत्यांचे प्रस्न, आयात-निर्यात, कारभार, हिंदी विद्यापीठाचो कायदो, रेल्वे अदमासपत्रक, मुळाव्या फुटक शिक्षणाचो कायदो, भलायकी, उद्देग, रूपयांचें-पौंडा कडेन नातें, लश्करा वयलो खर्च अशें कितलेशेच विशय ताणें अभ्यासपूर्वक हाताळ्ळे. प्रतिपक्षाचें मत समर्पक युक्तिवाद करून वळोवप, हें ताच्या भाशणाचें खाशेलपण आशिल्लें. गोखले हो ऊंच पांवड्याचो वक्तो आनी संसदपटू आसा, असा गौरव भारतांतल्या तशेंच विदेशांतल्या जायत्या जाणकारांनी केलो. तो वरिश्ट कायदे मंडळांत सुमार 12 वर्सां आशिल्लो.

आपलो समाज स्वायत्ततेचो उपेग करून घेवप लायक करपा खातीर निःस्वार्थी अशा समाज सेवकां एक संस्था तयार करपाक जाय, अशें ताका दिसता समाजाचें अंतर्बाह्य स्वरूप बदल्ल्या बगर तो स्वातंत्र्या पात्र जावंचो ना, अशें रानडे हाचें मत आशिल्लें आ त्याच हेतान ताणें 'सर्व्हंट्स ऑफ इंडिया सोसाय (भारत सेवक समाज) हे संस्थेची थापणूक केली (1 जून 1905).

वंगभंगाक लागून जी अंदाधुंदी जाली, ताका लाग गोखले आनी हेर फुडाऱ्यांच्या सनदशीर राजकारणा परिणाम जालो. पूण गोखलेन राजकी सुदारणा मेळोव खातीर ब्रिटीश राज्यकर्त्यांचें मत वळोवपाचे आपले य मात्तूय कमी केले ना. मोर्ले- मिंटो सुदारणा काय (1919) ह्या नांवान वळखतात त्या कायद्या जडणघडणींत गोखलेचो खूब मोटो हात आशिल्लं 1906 त तो इंग्लंडाक गेलो आनी थंय रावन हेसंबंदी ता बरोच वावर केलो. सनदशीर राजकारणाचो गोख प्रवर्तक खरो, पूण निमाणच्या काळांत कायदेभंगा चळवळीकूय ताचें खास मर्यादे मेरेन फाटबळ आशिल्लें

राजकारणांतल्या ताच्या कार्या भायर एक म्हा समाज सुदारक म्हूण तो नामनेक पावलो. भारत सेव समाजाच्या कार्या वांगडा अस्पृश्यता आनी जातिवेवस्थ हाचें निर्मूलन जावंचें, म्हूण तो सदांच वावुरलो. बायलां स्वतंत्रतायेचो तशेंच तांच्या शिक्षणाचो ताणें पुरस्का केलो आनी तेविशीचें आपले विचार वृत्तपत्रकार ह नांवान 'सुधारक', 'सार्वजनीक सभा', 'राष्ट्रभाष समाचार' ह्या खबरेपत्रांतल्यान स्पश्ट मांडले. सगळ्य थरांतल्या लोकांक शिक्षण घेवप सोपें जावंचें म्हूण मुळा शिक्षण फुकट आसचें, अशें ताका दिसतालें. ते खाती ताणें 1910 सावन खटपट सुरू केली. ताणें मुळाव्य फुकट शिक्षणाचें बील तीन खेपो कायदेमंडळांत मांडले पूण तीनूय खेपो ते भायर पडलें, म्हूण 1911 त ताणें मुळाव्या शिक्षणाचें बील परत एकदां वरिश्ट

कौन्सिलांत मांडलें.

ह्याच वेळार गोखले दक्षिण आफ्रिकेच्या दौऱ्यार गेलो. थंय भेटी, मानपत्रां दिवन ताका येवकार दिलो. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सरकाराचे दडपशाहीक आनी त्या धोरणांक आळाबंद बसचो आनी नाताळांत करारबंदीन कामगार धाडपाचें बंद करचें, अशें ताणें सरकाराक कळयलें. त्या वेळार गांधीजी दक्षिण आफ्रिकेंत आशिल्लो. गांधीजी आनी गोखले हांचो थंय जंगींचो संबंद आसलो. गोखले हाणें गांधीजीच्या सत्याग्रह कार्या खातीर निधी जमोवपाक सुरवात केली.

पयलें म्हाझूज सुरू जालें म्हूण तो भारतांत परत आयलो. जहाल मताच्या टिळकाक गोखलेचें सोपचाराचें राजकारण मवाळ दिसपाक लागलें. पूण गोखलेन आपलो सनदशीर मार्ग कसोच सोडलोना. पूण गोखले हाचें कर्तृत्व, देशसेवा, स्वार्थत्याग, अभ्यास ह्या गुणांक लागून सरकाराप्रमाणूच लोकपक्षाचे फुडारीय ताका आदर दिताले.

**- सं. मं.**

**गोखले, नरहर गणेश (बापू)** : (जल्म :----, 1777, तळेखाजण, मरण 19 फेब्रुवारी 1818 अष्टी)

कोंकणांतलो एक स्वातंत्र्य सैनीक. ताका बापू ह्याय नांवान वळखताले. तो मूळ तळेखाजण हांगाचो. उपरांत तो विजयदुर्ग गांवांत गेलो. तो थंयच स्थायीक जालो.

बापूक दोन बायलो आशिल्ल्यो. पयले बायलेक भुरगीं जावंक नाशिल्लीं. दुसरे बायलेक दोन भुरगीं आशिल्लीं. पयलो ल्हान आसतनाच भायर पडलो, तर दुसरो बापू बराबर झुजांत वावुरतांना अष्टी हांगा ताका मरण आयलें. ह्या चल्याचे नांव गोपाळ आशिल्लें. बापूचो काका धोडोपंत नाना फडणीसाच्या सैन्यांत चाकरेक आशिल्लो. धोडोपंताचें स्वतंत्र पथक आशिल्लें आनी अनेक स्वाऱ्यांत तो सहभाग घेतालो. टिपूचे एके लडायेंत बापून पराक्रम केल्ल्यान पेशव्यान ताची धारवाड हांगा नेमणूक केली.

धोंडूजी वाघ, कित्तुरकर देसाई, सुरापूरकर नाईक आनी कोल्हापूरकर रत्नाकर राजाज्ञा हांणी बापूची सोय केली. वेलस्लींनी धोंडूजीक तुंगभद्रा हांगा धावंडायल्या उपरांत धोंडुजीन परतून मराठी प्रदेशांत घुसखोरी सुरू केली. तेन्ना गोखले आनी पटवर्धन हांणी ताचेर हल्लो केलो. हातूंत कित्तूर आनी हल्याळ हांगा जाल्ल्या लडायेंत धोंडोपंत आनी ताचो पुतणो महादेव हाका मरण आयलें. पूण बापू वाचलो. उपरांत ताका चुलत्याची सरदारकी मेळ्ळी. ताणें इंग्रजांची मदत घेवन धोंडूजीक मारलो. दुसऱ्या बाजीराव पेशव्याचो पाखो घेवन बापून पटवर्धनाचो पराभव केलो. 1806 वर्सा ताई तेलिजीचें बंड मोडून काडलें तशेंच प्रतिनिधीकूय पराभूत केलो. 1807 वर्सा प्रतिनिधीन परतून बंड केलें आनी तें बापून परतून मोडून काडलें. ते उपरांत चतुरसिंगान पेशव्यां आड उठाव केलो. होय उठाव बापून मोडून काडलो (1812). अशे तरेन ताच्या स्वामिनिश्टे खातीर त्याच वर्सा पेशव्यान रास्ते, पटवर्धन, पानसे आदी, सरादारांक कुशीक काडून बापूक सेनापती केलो.

पेशवे आनी इंग्रज हांचेमदीं वायटपण जाल्या उपरांत इंग्रजांनी बापूक पेशव्यां पसून वेगळो करपाचो प्रयत्न केलो, पूण तातूंत तांकां यश मेळ्ळें ना. खडकी हांगा 5 नोव्हेंबर 1817 दिसा इंग्रजांच्या विरोधांतल्या झुजांत बापूचो घोडो मेलो, तरी लेगीत तो जमनीर देंवून झुजलो. येरवडा आनी गणेशखिंड हांगाय बापू जिद्दीन झुजलो, पूण बाजीराव स्वताच पळून गेल्ल्यान ताचो पराजय जालो. तशेंच घोडनदी हांगच्यान पुण्या वचपाक भायर सरिल्ले इंग्रज फौजेची बाजीरावा कडेन गाठ पडली. तेन्ना बापुनूच ह्या फौजेचो पराभव केलो. 19 फेब्रुवारी 1818 दिसा पेशवे जेवपाक बशिल्लो आसतना स्मिथ हाणें बापूक खबर दिली. तेन्ना पेशव्यान घाळपणाक लागून ताकाच दोश दिलो. तेन्ना बापूजी झुजपाची तयारी नाशिल्ली, तरी लेगीत बापून एकट्यान इंग्रजांचेर अष्टी हांगा हल्लो केलो आनी ह्याच झुजांत बापू आनी ताचो पूत दोगांकय मरण आयलें.

-सं. मं.

**गोगलगाय :** एक जीव. तो बुळबुळीत आसता. हेर जिवांपरस हो जीव हळू चलता. सुमार 10 ते 25 वर्सां ती जगता. गोगलगाय दर्यांत सुमार 5,600 मी. खोल ते जमनीवयर 6,000 मी. उंचायेमेरेन



वेगवेगळ्या खडपांचेर चिखलांत आनी दर्यांतल्या वनस्पतीचेर आसतात. सेरिथियम, परपूरा, लिटोरिना ह्या सारक्यो कांय दर्या वंशांतल्यो गोगलगायो गोड्या उदकांत आसतात. लिम्निया, प्लॅनॉर्बिस ह्या सारक्यो कांय गोड्या उदकांतल्या वंशांतल्यो गोगलगायो दर्यांत खास करून बाल्टिक दर्यासारक्या आनी सामान्य सागरी उदका परस कमी खार उदक आशिल्ल्या उदकांत रावता. न्हंय आनी तळयांतल्यो ॲप्युलॅरिया सारक्यो गोगलगायो जमनीर रावपाक शकतात. गोगलगायेच्यो दोन लाखापरस चड प्रजाती आसात. आयज सगळ्यांत लांब गोगलगाय ही पंदरा इंच लांबायेची आसा.

चडश्यो दर्यांत रावपी गोगलगायो शाकाहारी आसून शेळ्यार जियेवपी आसतात, तर कांय गोगलगायो मळ वा शवभक्षकूय आसतात. जमनीर वा गोड्या उदकांत रावपी गोगलगायो चड करून शाकाहारी आसतात. झाडार रावन तांच्यो साली आनी पानां खावन जगतात. गोगलगायेंचे आंग भडक रंगाचें आसता आनी त्यो सु दिसतात.

गोगलगायेच्या तोंडाचो भितरलो भाग किसणीसार आसता. तिका 'रेत्रिका' म्हणटात. ती पातळ आ तिचेर तिक्ष्ण कायटिनी दातांच्यो खुबशो आडव्यो ओ आसतात. झाडांचे देठ, पानां आदी हे किसणेन कि त्यो खातात. अन्नपुटाचो (अन्न साठोवपाचो भा भोंवतणचो भाग तांबडो आसता आनी ताचो श्ले (बुळबुळीत पदार्थ) आनी एंझाइमांनी (शरि रसायनीक विक्रिया घडोवन हाडपाक आदार क प्रथिनयुक्त संयुगांनी) युक्त आशिल्लो स्राव तोंडा भि येता. पूण साकर आनी मीठ खाल्ल्यार तीं मरतात.

दर एके गोगलगायेक नर आनी मादी अशे दोनाय अवयव आसतात. पूण त्यो स्वताच स्वताक प्रजोत्पा करपाक शकना. ते खातीर तांकां आनीक ए जोडीदाराची गरज आसता. दोन जीव मेळून एकामे कडेन प्रजोत्पादन करतात आनी दोनय तांतयां घालतात

गोगलगाय खूब आदल्या काळापसून आसा. फाट 6 अब्ज वर्सां पसून ती अस्तित्वांत आसा. हो जी आपल्या वजनाच्या धा पटीन जड वजें घेवन उबे वळ वयर चडपाक शकता.

शिंयाच्या तेंपार कात सुकी पडची न्हय म्ह गोगलगाय शांत न्हिदता. आपल्या कवचाची भितर बुळबुळीत स्राव थंडी सोपमेरेन न्हिदून रावता आ उपरांत परतून सक्रीय जाता.

भूचर गोगलगाय गरमेच्या दिसांनी जेवणखा खावपाचें बंद करता. जमनीर पडिल्ल्या पानां-खोलयां ल्हान बिळां करतात आनी आपले पुराय आंग कवच ओडून घेवन शीतनिश्क्रीयतेंत (अर्द वा पुराय गुंगीच स्थितींत) वता. ह्या स्थितींत तीं सुमार स म्हयने रावतात

कोंकणांत पावसाळ्यांत झाडां, वंयो आदी सुवातींचे गोगलगायो भोवतांना दिसतात.

भायल्या देशांत हीलीक्स पोमशिया ह्या भूच

ालगायचो उपेग मनशाच्या जेवणांत करतात. ह्या गालगायां वरवीं कांय रोगूय जातात.

दर्यांत कोनिडी कुळांतल्यो गोगलगाय विखारी सतात. तांकां हाताळतना जतनाय घेतली ना तर ती ब्बल्यार मनीस मरता.

गोगलगायेचें चलप सामकें सावकाश आसता. म्हणून ो कोणय सावकास चलता वा सावकासेन काम करता ा ताची चाल वा कामाक गोगलगायेची चाल णटात.

-सं. मं.



**गोजडी (गोदडी)** : आंगाक धांपपा खातीर तयार केल्ली ाशेली दाट चादर. पोन्न्यो, पिंजक्यो चादरी वा साडयो, ापडां एकार एक दाळून तांकां सुयेन सुताचे दोरे घालून, कसंघ अशे दाट तरेचें कांबरूण (पांगरूण) तयार रतात. अशा कांबरूणाचो दोट्टी फायदो जाता. एक णजे पोन्न्या कपड्यांचो बरो उपेग जाता आनी दुसरें णजे ताचे पसून थंडेच्या दिसांनी लागपी उबदार अशें ट कांबरूण तयार जाता. आदल्या काळांत शिंया- सांनी घरांघरांनी अशां गोजड्यांचो सर्रास वापर तालो. आतां सारकें लोकरिचे उबदार रग (ब्लँकेट) पलब्ध नासले. तेन्नाच्या काळांत गोजड्यांक खूब हत्व प्राप्त जाल्लें. अशो गोजड्यो घरचे घरा करताले वा ाजड्यो शिवपाचें खाशेले कसब आत्मसात केल्ल्यो ायलो, वेवसायीक रितीन, घरांघरांनी वचून वा रांघरांतली वस्त्रां आपल्या घरा हाडून थारावीक यशांच्या मोबदल्यांत गोजड्यो शिवून दिताल्यो.

गोजड्यांमदीं दोन तीन प्रकार आसतात. एक तलम स्त्रांपसून (पातळ साडयो-वायलां) तयार केल्ल्यो ातळ गोजड्यो. ह्यो पातळ, शितळ गोजड्यो गिमांतल्या रमे दिसांनी वापरतात. शिंया दिसां खातीर दाट स्त्रांपसून (चादरी) तयार केल्ल्यो उबदार गोजड्यो ापरात. ते भायर मध्यम दाटायेच्यो, भुरग्यां खातीर हलक्या वजनाच्यो गोजड्यो तयार करतात. गोजड्यांक सोबीतकाय हाडपाक तांकां रंगीत अशो कडो शिंवतात.

गोजडेक कुटुंबीक आनी भावनीक संदर्भय लागिल्लो दिसता. लग्न जाल्ली चली घोवा घरा वतानां कुळाराच्यो जायत्यो गरजेच्यो वस्ती वांगडा व्हरता. तातूंत न्हेसणा वांगडा आंथरूण - पांगरूणाक लागपी वस्तूंचोय आसपाव आसता. ह्या वस्तूंमदीं, आदल्या काळात गोजडेचोय आसपाव आसतालो. हालिंच्या काळांत एक मोद (फॅशन) म्हणून गोजडी घोवा घरा व्हरप जाता. गोजडे खातीर वापरिल्ल्या आवय-बापायच्या वस्त्रांचो सांगात वांगडा व्हरपाची भावनाय गोजडेच्या व्हरपांत दिसता. गोजडेच्या रूपांत आवय-बापायचे मायेचे उबेचो अणभव घेवप हो उद्देश थंय दिसता.

सद्याक बाजारांत उपलब्ध आशिल्ल्या तयार रगांचो आनी चादरींचो वापर सर्रास जाता आसलो तरी, गांवगिऱ्या वाठारांनी गोजड्यो, उण्या प्रमाणांत आसल्यो तरी, वापरप जाता. आधुनीक आकर्शक अशे रग, चादरी व्हड प्रमाणांत बाजारांत उपलब्ध आशिल्ल्यान ल्हव ल्हव करून रग-चार्दारिंचे तुळेन अनाकर्शक अश्यो गोजड्यो वापरांतल्यान ल्हव ल्हव करून उण्यो जायत चल्ल्यात. गोजड्यो शिवपाची कलाय आतांचे नवे पिळगेक अवगत नाशिल्ल्यान फुडाराक गोजडी हो कांबरूण प्रकार वापरांतल्यान ना जातलो, आनी एक मोद

(फॅशन) म्हणून दाखोवपा पुरतें तिचें अस्तीत्व उरतलें अशें दिसता.

-सं.

**गोटारली : पळयात → गोठाण**

**गोठाण :** एक सरपटपी प्राणी. हो प्राणी आर्थ्रोपोडा (संधिपाद) संघाच्या डिप्लोपोडा वर्गांतलो. गोठाणिची लांबाय 0.2 मि.मी. ते 300 मि.मी. मेरेन आसता. तर रूंदाय सुमार 50 मि. मि. मेरेन आसता. सादारणपणान गोठाणिचो रंग काळसार



मातये रंगाचो आसता तर कांय गोठाणिचो रंग तिकतिकीत तांबसो आसता. तिची कूड वाटकुळी आसून आंगाक मुदयां वरी वळी आसतात. चड करून तिका वीस मुदयो आसतात. पूण कांय जाणांक बत्तीस मुदयां परसूय चड मुदयो आसतात. तिच्या आंगाक कुसांकुसांवरी जायते पांय आसात. तेखातीर तिका 'सहस्त्रपाद' (मिलीपेड) म्हणटात. तिच्या आंगाच्या चडशा मुदयांक दोन दोन पांयांच्यो जोडयो आसतात म्हूण तिका 'डिप्लोपोडा' म्हणटात. तिका हात लागल्यार ती आपलें आंग आंवळून वेटाळें करता. गोठाणिचे तकलेर लघुशृंगिकांची (antenules) एक जोडी आसता. तकलेच्या दोनूय कुशिंनी एक वा चड ल्हान दोळे आसतात. कांय जातीं मदीं हे दोळे दिश्टी पडनात. जंभाची (अन्न धरपा खातीर वा चाबपा खातीर आशिल्ल्या उपांगांची) एक जोडी आसता. जंभिकांची (जंभाफाटल्या रूपांतरक्ष[illegible] उपांगांची) एकूच जोडी आसता.

जंभिकांचे दुसरे जोडयेचें रूपांतर अधरोश्ठा[illegible] (सकयल्या ओंठांत) जाल्लें आसता. गोठाणीक विखा[illegible] जबडे आसनात. कांय जातींच्या गोठाणिचे कुडि[illegible] आकार चेपटो आसता. कुडिचेर कॅल्शियमयुक्त कवचा[illegible] आवरण आसता. जेन्ना गोठाणिची वाड जाता तेन्ना ति[illegible] वयलीं कवचां कात सोडिल्लेवरीं गळून पडटात.

आर्थोस्फिरा हेटेरोस्टिक्टा, आ. मॅग्ना, झेफ्रोनि[illegible] नायग्रिनोटा झे. अल्टिकोला, कॉंड्रोमॉर्फा सेव्हेरिनी, क[illegible] मॅमिफेरा, स्ट्रेप्टोगोनोपस फिप्सोनी आनी ट्रायगोनियुल[illegible] लुम्ब्रिसिनय ह्यो गोठाणिच्यो कांय जाती आसात.

गोठाणिंची मादी, 'जमनींत 25 ते 50 तांत[illegible] घालतात. हीं सगळीं तांतयां मातये भितर आसता[illegible] तांतयांतल्यान पील भायर यो मेरेन मादी, तांतयांची राख[illegible] करता. तांतयांतल्यान भायर सरिल्ल्यां पिलांक पांयांच्[illegible] तीन जोडयो आसतात आनी पांयां फाटल्यान चार व[illegible] आसतात. आंगावयल्यो ह्यो वळी वाडत वतात आ[illegible] तांचेर पांयांच्यो जोडयो येवंक लागतात. गोठाण 2 ते[illegible] वर्सां मेरेन जियेता. हो काळ जातीप्रमाण वेगवेग[illegible] आसता.

स्वताची राखण करपा खातीर गोठाणिच्या आंगा[illegible] कांय घाण येवपी ग्रंथी आसतात. शरिराचे कुशी[illegible] आशिल्ल्या रंध्रांतल्यान ह्या ग्रंथींचें द्रव पाजरता. ह[illegible] द्रव्याचे घटक वेगवेगळ्या जातींनी विंगडविंगड आसतात[illegible] तातूंत हायड्रोसायनीक अम्ल, आयोडीन आनी क्विनो[illegible] आसता. ह्या द्रवाचो वास खर आनी झिणझिण्यो येव[illegible] आसता. हाका लागून ल्हान जीव-जंतू मरतात. मनशा[illegible] कातीर हें द्रव पडल्यार कात काळी पडटा. कांय का[illegible] उपरांत कात वता, पूण जाल्ले घाय बरे जावपाक बरे[illegible] दीस लागतात. मनशाच्या दोळ्यांचेर ह्या द्रवाचो वाय[illegible] परिणाम जाता. तशेंच कुकडांच्या दोळ्यांचेरूय ह्य[illegible]

ाचो वायट परिणाम जाता.

गोठाण हो शिवराक प्राणी आसून तो कुशिल्ली स्पत खावन जियेता. गिमाच्या दिसांनी ती स्वताक नींत पुरून घेता, तर ओलसार जाग्यांनी चड करून सा दिसांनी ती झाडा पानांच्या राशीं भितर वा कडांच्या खांचिनीं रावता. तशेंच पावसा दिसांनी ंच्या वाशांनी, पडवेर वणटीर चलतना दिसता.

- सं. मं.

**गोठो : 1 :** गोरवांच्या राबित्या खातीर बांदिल्ली बांदावळ. पावस, वत, दवा पासून रवांचें संरक्षण करपाच्या हेतान गोरवां खातीर घराच्या कराचो राबितो करतात. गोरवांच्या आंकड्या प्रमाण । राबित्याचो आकार थारता. लांकाडाच्या मेडींचेर डटांचे देंवतें पाखें आनी पेटिल्ली मातयेची जमीन अशी वणटी नाशिल्ली आनी दारां-जनेलां नाशिल्ली उक्ती दावळ. गोठ्यांत मध्यकाक गोरवांचीं दावीं ळ्यांतल्यो दोरयो) बांदपाच्यो खुंटयो मारून वेवस्था रतात. तशेंच गोरवांक तण आनी हेर खावड घालपाक ांड्याचो लांबट चवकोनी खण करतात. गोरवांचें शेण त धूवंक सोपे जावचें म्हणून गोठ्याच्या जमनीच्यो रय कडो पालशो (देंवत्यो) दवरून मध्यकाचो भाग भार दवरतात. व्हडले उंचायेच्या गोठ्याक पाख्यापोंदा ळो करून थंय गोरवां खातीर खाण (तण, करड) ांठोवन दवरतात. कांय गोठ्यांक चुडटांच्या ख्याजाग्यार गांवठी वा सुरच्या नळ्यांचो उपेग करतात. शेंच कांय आधुनीक गोठ्यांची जमीन शिमिटाची केल्ली सता आनी कोंड्याच्या वा लांकडाच्या खणा सुवातेर ऱ्या - शिमिटाचें बांदकाम करप जाता.

- सं.

**गोठो : 2 :** गोरवां पाडव्या दिसा (कार्तीक शुद्ध पाडवो) गोरवांक न्हाणोवन तात आनी तांकां फुलांनी सजयतात. तांच्या गळ्यांत पोळे (खाण) बांदतात आनी ताणी दिल्ले सेवे खातीर तांची पुजा करतात. ह्या दिसा गोरवां आशिल्ले लोक घराच्या आंगणांत प्रतिमात्मक असो सोबेचो गोठो तयार करतात. ताका 'गवळ' वा 'गोकूळ' अशेंय म्हणटात. ह्या गोठ्यांत कारिटांक व्हीर तोपून तांकां गोरवा कशीं उबीं करतात. कुशीक हातांत बडी घेतिल्लें तणाचें बावलें उबें करतात. तशेंच खरेल्या गोठ्यांत आसता तशें ल्हानशें उदकाचें आयदन, तण अशोय वस्तू दवरतात. गोरवां पाडव्या दिसा जावपी धेंडलो नाचोवन जातकच हो गोठो काडून उडयतात.

-सं.



ख्रिसमस गोठो

**गोठो : 3 :** नाताळाच्या दिसांनी ख्रिश्चन लोक आपल्या घरामुखार, घरांत वा भौशीक सुवातेर गोठ्याचो प्रतिमात्मक देखावो (क्रीब) उबो करतात. ह्या गोठ्यांत मातयेचीं गोरवां, राखणो, बोकडां, मेरवां दवरतात. तांच्या सांगाताक येसू ख्रिस्ताची आवय मेरी हिचे मांडयेर बालक येसूची मूर्त दवरतात. तांचे कुशीक येसूचो बापूय, सांत जुजे, देवदूत हांच्योय

मातयेच्यो मुर्ती आसता. येसू ख्रिस्त मेरी आवयगेर गोठ्यांत जल्माक आयिल्लो त्या प्रसंगाची याद म्हणून हो असो ताचो जल्म सुवाळो प्रतिकात्मक गोठ्यांत मनयतात. सद्याक अशें गोठे (क्रीब) सजोवपाच्यो नाताळा दिसांनी सरकारी, बीन सरकारी पांवड्यार सर्ती आयोजीत करतात. आनी ताका लागून ह्या दिसांनी जायते कडेन आकर्शक अशें गोठे उबारतात.

- सं.

**गॉड (गोड)** : खावचेल्या पदार्थांक गोडसाण हाडपी एक पदार्थ. ऊस, ताड आनी माड ह्या वनस्पतींपसून मेळपी रोस खतखतावन थंड करतकच जो घन पदार्थ तयार जाता, ताका 'गॉड' (गोड) अशें म्हणटात. 'गॉड' ह्या शब्दाची उत्पत्ती 'गौर' ह्या बंगालांतल्या पुर्विल्ल्या शाराच्या नांवां वयल्यान आयल्या अशें लासेन ह्या संशोधकान म्हळां. कांय व्युत्पत्तिकार, बंगालच्या गोंड देश ह्या पुर्विल्ल्या नांवा वयल्यान 'गौड' म्हळ्यार गोडाचो देश असो अर्थ दितात. प्रथिमकोश ह्या बुद्धकाळांतल्या ग्रंथांत दरेक बौद्ध भिक्षून आपल्या आहारांत गॉडाचो उपेग करचो अशें सांगलां. सम्राट चंद्रगुप्त हाच्या दरबारांतलो सेल्युकस मायकेटॉर हाचो वकील मिगॅस्थिनीझ हाणें इ. स. प. 40 च्या सुमाराक 'गॉड म्हळ्यार केसरी रंगाचो आनी अंजीर वा



साकरे गॉड आनी माडाचें गॉड



उसी रोस शिजयतना

म्हेंव हांचेपरसूय गोड असो फातर' अशें गॉडाचें वर्ण केलां. ऊसापसून गॉड आनी साकर तयार करपाची क्रि भारतांत पुर्विल्ल्या काळासावन प्रचलीत आसा.

गॉड हो एक घन पदार्थ आसून ताचो रंग लेव हळडुं वा करडो आसता. करडो रंग फुडें ल्हव ल्हव काळस जाता. गॉडाची रूच गोड आसता. हो सुको घन पदा पावसाळ्यांत दमट हवेचें उदक शोशण केल्ल्यान तेंवत गॉड गरम केल्यार पयलीं तें वितळटा आनी मार्ग काळपट करडें जाता. कालमानाप्रमाण गॉडाच गुणधर्मांत फरक पडत वता. गॉडांतल्या घटकांचें प्रमा ऊशी कांड्यांत आसपी पुराय घटकांच्या प्रमाणा इतलें थोड्या भोव फरकांत उरता. शुद्धिकरणाक लागून ह घटकांचेर थोडो भोव परिणाम जाता. देखीक, रो शिजयतकच प्रथीन घटकांचेर मात्सो परिणाम जावन तां प्रमाण कमी जाता. पूण हेर घटकांचेर परिणाम जाय आनी तांचें प्रमाण तशेंच उरता.

गॉडाच्या वट्ट उत्पादनांतल्या तीन चतुर्थांश गॉडाच उपेग खावपाच्या जिनसांनी जाता. उत्पादनाचो कांय भा 'गॉडाची साकर' तयार करपा खातीर वापरतात.

वेपारांत गॉडाची किंमत रंग, रूच, साकरीचें क आनी वास हाचेर आदारून आसता. स्फटीक गॉडां साकर चड प्रमाणांत आसता. म्हूण तें गोड खावपा खाती वापरतात. पुसा हांगाच्या 'सेंट्रल शुगरकेन रिसर्च सेंटर' संस्थेन गॉडाची गोडसाण, रंग, साकरेचें प्रमाण, ग्लुको आनी फ्रक्टोज हांचें प्रमाण, जलांश, अम्लता, कलि

रूप, रक्षा ह्यो गजाली मतींत घेवन गॉडाचे वेगवेगळे कार सुचयल्यात.

**उत्पादन पद्दत :** ऑक्टोबरसावन मार्च अखेर मेरेन न ऊस तोडपाक सुरवात करतात. कापणे उपरांत 5-6 गं परस चड वेळ ऊस दवरिनात. कारण तसो दवरल्यार चें वजन देंवता आनी रोसांतले साकरेचें ग्लुकोजांत पांत जाता. वेगवेगळे चरक वापरून ऊसाचो रोस ळटात. रोसांत विरगळिल्ले आनी उफेवपी अशे कतलेशेंच घटक आशिल्ल्यान गॉड तयार करपा खातीर रवेक रोस शुद्ध करप भोव गरजेचें आसता. रोसापसून ांड तयार करपा मेरेनच्यो सगळ्यो प्रक्रिया एकेच ायलींत करतात. ताका लागून शास्त्रीय पद्दतीन रोसाचें ुद्धिकरण करप शक्य जायना. देखून हें शुद्धिकरण सैमीक द्दतीन करतात. रोसांतली मळी चडांत चड प्रमाणांत ाडून उडोवपा खातीर वेगवेगळ्या कार्बनी आनी रकार्बनी जिनसांचो उपेग करतात.

रोसांत सुमार 80 टक्के उदक आसता. गॉड तयार करपा ातीर तातुंतले उण्यांत उणें 75 टक्के उदक शिजोवन ाडून उडोवचें पडटा. एके खेपेक एक टन ऊस गाळून ुमार 750 कि. ग्रॅ. रोस काडटात. रोस काडून जातकच ोन वरांभितर तो शिजोवचो पडटा. नाजाल्यार तातूंत सायनीक प्रक्रिया सुरू जावन गॉडाचो रंग बदलूंक ाकता. देखून रोस तयार जायनाफुडें दाट कपड्यान वा ाळणीन गाळटात. हाका लागून तातुंतलो बारीक कोयर ानी किसरां वतात. मागीर सगळो रोस कायलींत घालून शेजयतात. रोसाची कायल भाटयेर दवरून तापयतकच ुमार अर्द वरान नायट्रोजनस्वरूपी घट्ट मळी वयर उफेवंक लागता. ही मळी जितली बेगीन काडून उडयत, ततलें गॉड चड रंगदार, रवाळ आनी टिकाऊ जाता. मळी जर पुराय काडलीना जाल्यार गॉड काळें जाता. रोस शेजोवपाची क्रिया सुमार देड वर चलता. रोस शिजता आसतना मळी एक सारकी काडून उडयतात. बोमाडे यवन गॉड जावपाक लागचे पयलिच्या रोसाक 'काकय' वा 'राब' अशें म्हणटात. रोस एक सारको धवळीत रावचें



तयार जाल्ले गोड साच्यांत रकयतना

पडटा, नाजाल्यार कांठां वयल्या भागांत गॉड करपूंक शकता. तापमान सुमार 118 अंश से. ते. 123 अंश से. इतलें दवरतात. हाचेपरस चड तापमान दवरल्यार गॉड घट्ट आनी तांबडे जाता. उणें तापमान दवरल्यार तें मोव आनी हळडुवें जाता. सुमार 120 अंश से. तापमानाउपरांत कायल भाटये वयल्यान सकयल देंवयतात आनी गॉडाचो पाक खूब वेळ एक सारको धवळटात. मागीर तो लोखणाचे थंड कायलींत घालून वा जमनींत चर खणून नाचण्याच्या पिठाचो लेप लावन थंड जावपा खातीर ओततात. रोस इल्लो इल्लो घोळयतकच थंड जावन गॉड घट्ट जाता.

**गॉडाच्यो धेंपी घालप :** साच्यांत घालून तयार केल्ल्या गॉडाच्या वाटकुळ्या अंशाक (कुडक्याक) धेंप म्हणटात. धेंपी करपा खातीर वाटकुळीं लांकडी वा लोखणी आयदनां वा बालद्यो वापरतात. धेंपल्यांक वा बालद्यांक सकयल्यान बुराक आसतात. ह्या बुराकांतसून गॉडाचो पातळ भाग भायर निस्तून वता. धेंप घट्ट जावपाक सुमार एक वर लागता. धेंपीचें वजन सुमार 20 ते 30 कि. ग्रॅ. आसता. आतां अर्द किलो, एक किलो वजनाच्यो ल्हान धेंपी करतात. बालद्यांतलें गॉड पुराय घट्ट जातकच धेंपी भायर

काडटात. सुक्ष्म जंतुंचो रीग जावन गॉड पेड्ड्यार जायत म्हूण धेंपी साकाच्या पोतयांनी वा अल्काथेनच्या पोतयांनी गुठलावन गुदावांत सुक्या जाग्यार सांठोवन दवरतात.

गॉडाचें उत्पादन चडशें घरगुती गुऱ्हाळां उबारून नाजाल्यार सहकारी संस्थांवरवीं जाता. गोंयांत माडाची सूर काडून ताचेपसून गॉड तयार करतात. हाका 'माडाचें गॉड' म्हणटात. तशेंच ताड, सॅगो पाम आनी खाजूर हांच्या पसून काडिल्लो रोस आटोवन गॉड तयार करतात. हीं गॉडां तयार करपाची पद्दत वयर दिल्ले साकरेचें गॉड करपाचे पद्दती सारकी आसता.

सत्व, पुरणपोळी, चुन्न, पातोळ्यो, चिकी, लाडू (बेसन लाडू, मुगा लाडू, तिळा लाडू आदी), कण्ण, मणगणें,तवसळी, धोणस, पंचखाद्य, आदी अशा खाद्य पदार्थांनी गॉडाचो उपेग गोडी हाडपाक करतात. तेभायर आदल्या तेंपार साकर सोंपेपणान उपलब्ध नासताली तेन्ना गॉड घालून च्या करतालीं. माडाचें गॉड दूख निवारी समजता. आंगाक जाल्ली दूख निवळची म्हणून खाणांत माडाचें गॉड वापरता. कश्टाचें काम करपी लोक माडाचें गॉड घाल्ली मेथयां-पेज जेवतात. अशी मेथयां-पेज बाळंटिणीकय दिता. माडाचें गॉड आनी मेथयो, लसूण हे पदार्थ दूखहारी समजतात.

**कोंकणी म्हण : 1) गॉडा धेंपीक दोमळे दसता. 2) गॉड थंय दोमळे.** गॉडाचे गोडसाणीक लागून दोमळे गॉडा कडेन आकर्शीत जाता. तेचप्रमाण जंय किते मेळूंक शकता थंय लोक ओडून वता. धन, सत्ता आशिल्ल्या मनशाभोवतणी लोक एकठांय जाता. अशा लोकांक उद्देशून ही म्हण म्हणटात.

**- सं.**

**गोड - गंवाच्यो गुळयो :** गंवाचें पीठ, उदक, काजूबियांचे कुडके, सोय, भिकणांचे कुडके, किसयिल्लें गॉड, तूप आनी फुलयिल्ले तीळ घालून केल्लो पदार्थ म्हळ्यार गोड - गंवाच्यो गुळयो.

गंवाचें पीठ बरें तांबसार जायसर भाजून घेवचें. उपर तें भाजून दवरचें. एका आयदनांत गॉड आनी उदक घाल पांक करपाक दवरचो. तातूंत सुकयल्ली सोय घालच पांक धवळत रावचो. बरो खतखततकच दवल्यार घेव दोन बोटांनी चोळून पळोवचो.पांक एकतारी जाव पयलीं तोप सकयल काडून बाकीचें सामान पिठासव घालचें. सगळें बरें एक करून घेवचें. उपरांत हें पीठ एव परातींत काडचें. सगळ्या पिठाचो एक गुळो करू दवरचो. हाताक तुपाचो पातळ लेप लावन थोडें थोडें पी घेवन बरें मस्तून गुळयो करच्यो. ह्यो गुळयो पयलीं मो दिसतल्यो. त्यो सुकतकच घट जाता.

ह्यो गुळयो मूग भाजून केल्ल्या पिठाच्योय क येतात. जाय जाल्यार एक वाटी गंवाचें पीठ, एक वा चण्या -दाळिचें पीठ आनी एक वाटी ज्वारीचें पीठ अश तीन तरेचीं पिठां घेवन हेंच माप घेवन गुळयो करूं येतात.

**- सं. म**

**गोडेंकाश्ट :** (मराठी : ज्येष्ठमध, हिंदी : मुल्हट्ट गुजराती : जेठिमध, कन्नड आनं संस्कृत : यष्टिमधू, इंग्लीश : लिकराइस, लॅटीन ग्लिसिऱ्हायझा ग्लॅब्रा, कूळ : लेग्युमिनोजी, उपकूळ पॉपिलिऑनिटी)

एक वखदी वनस्पत. सुमार 1 मी. उंचायेर वाडप वनस्पत. ताका तळा सावन जायत्यो खांदयो फुटतात. ह्य खांदयांक विशमदली आनी संयुक्त पानां येतात. पानांच्य खांचींनी ल्हान जांबळ्या रंगाचीं फुलांचीं कणसां येतात फुलांची रचणूक पतंग रूपी आसता. ह्या झाडाक जायत्यं बियो आशिल्ल्यो ल्हान चेपट्यो सांगो येतात. हिचें मूव लांबट आसून ते तांबसार हळडुव्या रंगाचें आसता. त चवीक गोंड आसता म्हणून ताका 'गोडेंकाश्ट' अशे म्हणटात. वर्सूयभर जियेवपी अशी ही वनस्पत. मिसरी अरबी आनी जलज अशे ताचे तीन मुखेल प्रकार आसात.

ह्या झाडाक दोंगरी आनी ओलसार वाठार तशेंच खोल, सुपीक आनी भुसभुशीत जमीन आनी उबदार हवा

ानवता.

हें झाड मूळ भूमध्य दर्या वाठारांतलें. कोंकण भागांत झाड सगळे कडेन जाता.

ह्या झाडाचो घरगुती वखदांत वापर जाता. गोडेंकाश्ट वीक गोड अशिल्ल्यान तें ताळ्यार बरें पडटा. आवाज मला आसत जाल्यार हाचो पिठो थोडो थोडो तोंडांत ग्लून चाबचो. खोकली मारता, धांप लागता वा इड्यांत कफ भरून तो भायर सुटना जाल्यार हाचो ःसाय करून पिवचो. हो कसाय क्षय रोगांच्या (टी. बी.) ाडेकाराक दीत जाल्यार हड्ड्यांतलो कफ पातळ जाता ानी जोर बेगीन देंवता.

बिकाचो त्रास आसल्यार गोडेंकाश्टाचो कसाय पोटांत ्वचो. कसलीय पिडा जातकच मनीस बारीक जाता. हळ्यारूच मनशाचें वजन देंवता, थकता आनी आंग ळपाक लागता. अशा वेळार गोडेंकाश्टाचो पिठो दुदांत ालून घेवचो. अशें केल्यार कुडींतलो मांसधातू वाडटा ानी आंगांत शक्त येता.

गोडेंकाश्टाचें मूळ वखदी. तें वतांत सुकोवन ताचो खदी उपेग वयर सांगिल्ले प्रमाण करूं येता. तें मोव, चवट आनी धागेमय आसून भितरले वटेन हळडुव्या गाचें आसता आनी रूचीन गोड आसतात.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं योग्य ीतोराचो सल्ल्यो घेतल्यार बरो.

तंबाकूक वास हाडपाक, गोड पदार्थांत तशेंच बिअर ांवाच्या पेयांत फेसा खातीर निरूपेगी थारिल्ल्या मुळांचो ्पेग करतात. बूट पॉलीश कारखान्यांतूय ह्या झाडाचो ्पेग जाता. तातूंत आशिल्लें ग्लिसिन्हायझीन साकरेच्या 50 पट गोड आसता.

**- सं. मं.**

**गोड्डे रामायण :** कोंकणी रामायण. केरळांतल्या एर्नाकुलम गारांत, ताडपत्रांचेर बरयल्लें लोकगितांच्या रूपांतलें कोंकणी रामायण. मुळांत तें मल्याळम लिपींत आशिल्लें. कोंकणी भाशा इन्स्टिट्युटाचो प्रोफेसर आर. के. राव हाणें त्या ताडपत्रां वयल्या बरपाचें संपादन करून मूळ बरप देवनागरी कोंकणींत हाडून 'गोड्डे रामायण' ह्या नांवान तें उजवाडायलें.

1982 वर्सा एर्नाकुलमच्या 'मुण्डश्शेरी' नांवाच्या सारस्वत कुटुंबा कडच्यान वाचूंक येनाशिल्लीं अशीं ताडपत्रां प्रो. राव हाच्या हाताक लागलीं. ताणें झाडा-पाल्याचो रोस लावन घांसून-पुसून तीं निवळ केलीं आनी उपरांत तांचे वयल्या बरपाचें संपादन केलें. हीं ताडपत्रां 200 वर्सां पोरनीं आसूंक जाय आनी 'व्यंकटेश कल्याण' काव्याच्याय आदलीं आसूंक जाय, अशें प्रो. राव हाणें आपले प्रस्तावनेंत म्हटलां.

लोकगितांच्या रूपान केल्ल्या ह्या बरपाचो कर्तोकोण तें अजून कळूंक ना. पूण ताचेर मल्याळम भाशेचो प्रभाव बरोच उणो आसा. होळयेच्या वेळार वैश्य आनी सारस्वत समाजांतले लोक कोचीच्या भगवती देवळाच्या आनी बाराम्पळेच्या दुर्गाक्षेत्राच्या आंगणांत गावन, नाचून, अभिनय करून हें रामायण सादर करताले आनी मध्य केरळांत ताचो प्रसार खूब आशिल्लो अशेंय हे प्रस्तावनेंत म्हटला. चड करून बालकाण्ड कथा गावपी कलाकारांक 'गडे' (सादरकर्ते) म्हणटाले. देखून त्या रामायणाक 'गोड्डे (गडे) रामायण' अशें म्हणटात.

रामायणाचे कथेचीं फकत 64 ताडपत्रां मेळ्ळ्यांत. मदलीं तशींच निमाणीं नश्ट जाल्यांत. हनुमंत संजीवनी हाडूंक वता, तितले मेरेनचें बरप मेळ्ळां.

बालकाण्ड, अयोध्याकांड, अरण्यकाण्ड, किष्किन्धाकाण्ड, सुन्दरकाण्ड, युद्धकाण्ड अशा स काण्डांनी प्रो. राव हाणें 'गोड्डे रामायण' बरपाचें संपादन केलां. ह्या बरपाचेर मराठीचो थोडो प्रभाव दिसून येता. जाणकारांच्या अदमासाप्रमाण गोंयच्यान कोंकणी लोक 16 व्या शेंकड्यांत केरळांत पावल्या उपरांत हें कवीत रचलां आसूं येता.

ह्या लोकगीतांच्या रूपांतल्या बरपाच्यो कांय पती सकयल दिल्यात :

युद्धकाण्ड

1

नमो नमो गणेन्द्रा पार्वती नन्दनगा
चोवदाई विद्येचा स्वामी तूंची गजाननगा
तेत्तीस कोटि देव तुजी करिते वन्दनगा
चौसष्टि जोगिणि तुजी नाचती अंगणगा
माजा नमस्कारू तुजे चेरणगा

2

तुजे कृपेन कथा सांगईन रामायणगा
अयिशि कथा सावधान रम्य रामायणगा
रामायण आयिकिल्यारि पाप नाशिनगा
युद्धकाण्ड कथा आतां तुमासि सांगतोगा
लंकेचे रावणे केले सितेसि हरणगा

3

रामु लक्षिमोणु हो गंय सोदिते या वनांगा
रूष्यमूक पर्वतारि केली ती सोदनगा
रूष्यमूक पर्वतारि श्रीरामु बैसलोगा
सुग्रीव सहित सैन्य आळांचु माण्डिलोगा
इतुक्या ऊपरि येकु गर्जरू आयिकिलोगा
वानर सहित विरू अंगदु पातलोगा
सिता सुद्धि कोर्नु विरू हनिमन्तु पातलोगा
नळ नीळु जाम्बवन्तु सर्वेपातलेगा
शरभु वृषभु आनी माहिन्दु पातलेगा
नाचता ऊडता विर वानर पातलेगा

-सं.

**गोंड फूल : पळयात → रोज**

**गोत्र :** एक वंशकूळ, जंय एकाद्र्या मनशाक एकाच पुरसा पसून आपलो अखंड वंशरूख स्पश्टपणान समजून येता, तेन्ना तो मनीस त्या गोत्रांतलो आसा अशें मानतात. गोत्र म्हणल्या उपरांत एक खासा कुटूंब असो अर्थ जाता. आनी होच अर्थ छंदोग्य उपनिषदामदींय घेतला.

'गोत्र' ह्या शब्दाचे अर्थ खूब आसात. 'गो' म्हळ्या गाय आनी 'त्र' म्हळ्यार राखण. गोत्र म्हळ्यार भुंयेच राखण करपी, असो कांय जाणांनी अर्थ काडला. हेभाय गोत्र शब्दाचो अर्थ पर्वत, गायांचो पंगड, गोठो, कूळ वंश, समुदाय, रान, रस्तो, संपत्ती, शेत, भविष्यज्ञा असोय जाता. 'गो' म्हळ्यार इंद्रीय, भूंय, गाय अशे खुब अर्थ जाल्ल्यान तांची राखण करता, तें 'गोत्र' असोय अ जावं येता. म्हणून फुडें गोत्र उतराचो अर्थ पंगडाचे परंपरे चलत आयिल्ली पिळगी. एकाच परिवाराचे एके परंपरेचे, वंशाचे लोक असो जालो. एकाच कुळां जल्माक आयिल्लो वा त्या कुळा कडेन नाते संबं दवरिल्लो त्या कुळाचो - गोत्राचो जाता.

विश्वामित्र, जमदग्नी, भारद्वाज, गौतम, अत्री, वसिष्ठ, कश्यप आनी अगस्त ह्या आठ ऋषी सावन जीं वंशकुळ उप्रासलीं त्या ऋषींचीं नांवांच ह्या वंशकुळाचें गोत्र म्हणू वळखतात. हे ऋषी त्या वंशकुळाचे मुळपुरूस आशिल्ले बौधायनान हीच फोडणिशी केल्या.

वयर उल्लेख केल्ल्या आठ ऋषींक गोत्रकृत, गोत्रकार, वेद्ध, स्थविर, वंश्य अशें म्हळां. ह्या आठांतल्या दर एका ऋषीच्या वंशांत कांय पराक्रमी आनी कर्तबगार मनीस निर्माण जाले आनी तांच्या नांव वयल्यान त्याच गोत्रांत स्वतंत्र अशीं गोत्रां जावपाक लागलीं. अशें तरेन एका मुळाव्या गोत्रापसून खूब गोत्र निर्माण जालीं. अशा ह्या मागीर जाल्ल्या गोत्रांची वळेर बौधायन श्रौतसूत्राच्या निमाण्या भागांत 'महाप्रवरकांड ह्या नांवान दिल्या. तशेंच उपरांत निर्माण जाल्ल्या गोत्रांक 'गोत्रावयव' (गोत्र प्रवर) अशें म्हळां.

**क्षत्रिय गोत्रां :** कुटुंबात एकाद्रो हुशार, विद्वान, गिरेस्त मनीस जावन वतकच ताचें जें वंशज आसतात, तांकां त्या नांवाच्या गोत्रान वळखतात. हाका लौकिक गोत्र अशें म्हणटात आनी हें क्षत्रियांमदीं चड आसता. ह्या लौकिक गोत्रांतूय फुडें आनीक विभाग जाल्यात, जांकां 'गण' अशें म्हळां.

गोत्रां विशीं कांय खास गजाली :

1) कांय वेळार बापूय नेमको कोण हें खबर ना तेन्ना ावय ज्या गोत्रांत जल्मली तें गोत्र पूत लायताले.

2) कांय क्षत्रिय, वैश्य हांकां गोत्र खबर नासत ल्यार ते आपल्या पुरोयताचें गोत्र लायताले.

3) गुरूकुलांत रावपी कांय विद्यार्थी शिक्षण पुराय ल्या उपरांत त्या गुरूचे शिश्य हें कळपाक त्या गुरूचें त्र लायताले.

4) ब्रह्मविद्येचें शिक्षण दितना गुरू, शिश्याक गोत्र वा वेल्यानूच उलो करतालो. हाचे वयल्यान ब्राह्मण ानी उपनिषद काळांत गोत्र पद्दत चड वेव्हारांत ायली, अशें दिसता. कांय कुटुंबांक दोन-दोन गोत्रां ागिल्ली दिसता. जामदग्न -वत्स गोत्राचे लोक ामदग्न्य आनी वत्स अशा दोनय गोत्रांचें नांव धारण रतात.

5) ह्या काळांत गोत्र पद्दतीन मूळ धरलें तरी हातूंत ाच गोत्रांत (सगोत्र) बरेच फावट लग्नसंबंध ायनाशिल्ले. म्हळ्यार ही पद्दत त्या वेळार नाशिल्ली ाशी अदमास काडटात. गोत्र हें शिक्षण, यज्ञ, याग हांच्या ातेंच मर्यादीत आशिल्लें. आयज सगोत्रांत, सगोत्र वरांत लग्न ना लावपाची चाल पुरायपणान वचूंक ना.

गोंयांत मनुमया, त्वष्टा, शिंपी, दैवज्ञ हेय गोत्रकार ासात. शेटींत कौशिक, वत्स अशीं गोत्रां आसात. मेस्त ौडिण्य गोत्र मांगतात. तर वैश्य वाणी जामदग्न्य आनी ौशिक गोत्री आसात. हेर समाजय आपापलीं गोत्रां ारून आसात.

**- डॉ. अनंत राम भट**

**गोंदण** : मनशाच्या कुडीर (आंग) सुयेच्या आदारान कोरायिल्लो देवांच्यो रंगीत ाकृतायो वा सदांकाळ उरपा खातीर कोरायिल्ल्या रंगीत चेत्रांक गोंदण म्हणटात.

गोंदवप हें केन्नां सुरू जालें हाचो इतिहास सारको ापडना. पूण तें मनीस कुळयेच्या इतिहासाच्या आरंभा



**दादल्याचे फाटीर केल्लें गोंदण**

पसून आसलें असो अनुमान काडूं येता. गोंदवपा खातीर सुये सारक्या तोंकदार वस्तुचो वापर करतात. रंग म्हणून काजळ, हळदी पूड, पानां रोस, कोळशा पूड आनी हेर रंग द्रव्यां वापरतात.

रंग मिश्रणांत सुयेचे तोंक बुडोवन ज्या भागार गोंदवप करपाचें आसा थंय सुयेच्या तोंकान तोंपून तोंपून गोंदतात. गोंदवपाची क्रिया पुराय जाल्या उपरांत थंय एरंडेल आनी हळदिच्या मिश्रणाचो लेप लायतात. हालिंसरा गोंदपाचें रसायनीक मिश्रणय मेळटा आनी यंत्राच्या आदारान तें आंगार गोंदून घेवं येता. हें गोंदण करपी कारागीर आतां सगळे कडेन उपलब्ध जाल्यात.

उत्तर धुव हांगाच्या प्रदेशा पसून दक्षिणेकडचो न्युझिलँडमेरेनच्या सगळ्या देशांतल्या वनवासी लोकांमदीं गोंदवपाची प्रथा आजुनूय आसा. आर्यांमदीं ही चाल ना. कारण वैदीक वाड.मयांतय गोंदणचो उल्लेख मेळना. द्रवीड लोकां मदीं ही प्रथा आशिल्ली.

आदल्या काळार वेगवेगळ्या वनवासी जमातींत भुताखेतां पसून स्वताची राखण जावची म्हणून कपलार, हातार आनी हेर अवयवांचेर सांकेतीक चिन्नां काडपाची रीत आशिल्ली. हातुंतल्यानूच गोंदपाची पद्दत सुरू जाल्या आसूं येता. गोंदणा संबंदी एक पुराणकथा प्रसिद्द आसा. ती अशी :

एक दीस लक्ष्मी हीणें विष्णूक म्हणलें, 'तुमी म्हाका

परत परत सोडून भायर वता, तेन्ना हांव एकटीच उरतकच म्हाका भंय दिसता.' हाचेर विष्णून आपलीं आयुदां लक्ष्मीच्या हातार दांबलीं आनी त्या आयुदांचीं चिन्नां तिच्या हातार उदेलीं. तीं उदेंतकूच विष्णून तिका म्हणलें, 'हाचेफुडें हीं चिन्नां तुज्या भंयापसून तुजी राखण करतलीं.'

कांय मानववंश मताप्रमाण रानवटी लोकांमदीं देवपुजा, लग्न वा हेर समारंभा वेळार रक्ताभिशेकाचो जो विधी आशिल्लो ताचो गोंदण हो एक अवशेश आसूं येता. फ्रेझर ह्या मानववंश शास्त्रज्ञांचे मत हाचे परस वेगळें आसा. तो म्हणटा, की बायलांक मारहाण करून तांच्या आंगांची सहनशक्त पळोवपाचो जो प्रकार आशिल्लो, ताचोच हो अवशेश आसूं येता.

आदिवासी जमातींतल्या बायलांची अशी समजूत आसता की, गोंदण हें मड्या बराबर परलोकांत वता. गोंदणेबगर जर बायलमनशेक मरण आयलें तर सर्गांत तिचें पितर तिका वळखुचें ना. सर्गांत गेल्या उपरांत धर्तरेर राविल्ल्याची खूण म्हणून देव तिका गोंदण दाखोवपाक सांगता. जर गोंदण ना, तर ब्रह्मदेव तिका भुताखेताच्या रूपांत परत जल्म घेवपाक लायता. वा कांट्या वयल्यान झरयत ओडून व्हरपाक लायता. अशें केल्ल्यान तिच्या आंगार गोंदणे सारक्यो कुरू उदेतात.



बायलेचे फाटीर केल्लें गोंदण

राजपूत जमातींत भिल्ल लोकांमदीं गोंदणेची प्रथा न बंगालांत शेतकाऱ्यागेर जर एकाद्या बायलमनशेन गों घेतलें तर तिका जाती भायर घालतात. आसामांत ना टोळींत गोंदण हें मानचिन्न समजतात आनी गोंदल्या ब लग्न करपाक मेळना.

आदिवासींच्या वेगवेगळ्या टोळयांनी गोंदणा वेगवेगळे प्रकार आसात. कोण आडव्यो आनी तिरप रेगांनी गोंदतात. तर कोण विशिश्ट चिन्नां वा आकृता गोंदतात. कपलार त्रिकोणाकृती, छातयेर मोर तशेंच नु आदी अशें थारावीक अवयवांचेर थारावीक आकृता गोंदतात. राममंत्र, ओंकार, स्वस्तीक, देव-देवींचीं चित्र नावां, तुळशी वृंदावन, शंखचक्रादी चिन्नां गोंदून घेतात.

प्राचीन भारतांत शिक्षेचो (ख्यास्त) एक प्रक म्हणुनूय गोंदपाची पद्दत आशिल्ली. एकाद्या गुन्यांवक मनशाच्या कपलार गोंदून उपरांत ताची धींड काडटाले आनी अशे तरेन ताच्या कपला वयलें गोंदप ही ताच्य फुडाराची वळख जाताली. आदल्या काळांत प्रवासांत व जात्रा - मेळांनीं भुरगीं शेणपाचो खूब संभव आसताले शेणिल्ल्या भुरग्याची उपरांत वळख जांवची म्हणू भुरग्याच्या आंगार ल्हानपणांतच एक चिन्न गोंदोव दवरताले.

हिंदु समाजांत, घोव मेल्ले बायलेक पिंजर वा गं कपलाक ना लावपाची रूढ आसा. अशा वेळार अश बायलो आपल्या कपलार काळसर रंगाचें गोंदण करू घेतात. आतां ही रूढ उणी जाल्या.

गोंदणा फाटल्यान वैजकी उपचाराची कल्पनाय आस येता. आंगांत रंगद्रव्यांची लागण करपांतल्यान, तां वरवीं आंगांत वखदी द्रव्यां सोडून वैजकी उपचा करपाचीय ती एक रीत आसूं येता.

अत्याधुनीक समाजान हे 'कले' क एक फॅशन म्हणून आपणावपाक आरंभ केल्ले पसून गोंदण ह्या प्रकारचो अभ्यास गंभीरपणान जावपाक लागलो. जे कॅप्लान ह्या संशोधिकेन जगभरच्या समाजशास्त्रज्ञ कडल्यान 'गोंदण' वा 'टॅटू' ह्या विशयाचेर संशोधनपूर्ण निबंध मागून तांचो संग्रह 2000 वर्सा 'रिटन ऑन द

डी' ह्या नांवान प्रसिद्द केला. तातूंत जगभरच्या देशांत गण प्रक्रियेची प्रेरणा आनी इतिहास हांचो वेध घेवपाचो त्न केला. भारतीय बायलो आंगाच्या खंयच्या सुवातेर पारीक पद्दतीन गोंदपा खातीर कितल्या चिन्नांचो वापर ता, हें चित्रांच्या आदारान क्लेअर अँडरसन ह्या धिकेन सांगलां. पूण ब्रिटीश अमलांत 'ठग' म्हणून नेद्द जाल्ल्यां सराईत गुन्यांवकारांच्या आंगार पाच्या खुणांचो अर्थय समजून सांगला. सराईत यांवकार वळखुपाक येवचो म्हणून ब्रिटीश यकर्त्यांनी चिन्नां गोंदून तांकां कायमचो 'कलंकित' पाचो प्रयत्नय करून पळयल्लो, अशें क्लेअर डरसन हाणें सांगलां.

आजकाल गोंदून घेवपा खातीर तरनाटे-तरनाट्यांची ड्या वाडूंक लागल्या. मुंबय-दिल्ली सारक्या ानगरांतली ही फॅशन आतां गांवां गावांनी पावल्या. शा गोंदणतज्ञांची दुकानांची संख्याय वाडल्या. प्राचीन ळांत जो रानटीपणाचो प्रकार म्हणून समजताले तो त सर्वमान्य जावंक लागला. आतां थारावीक वयवापुरतें गोंदण उरनासतना तें आतां आंगभर जावंक ागलां.

स्थायी स्वरूपाच्या (आजल्म) गोंदणा वांगडाच ाता अस्थायी (तात्पुरत्या) गोंदणय (टॅटू) प्रचलीत ालां. हें टॅटू गोंदण सुयेवरवीं कातींत करिनासतांना तें ातीचेर उदेता. तें सुयेवरवीं कातींत करिनासतना ातीचेर उदेता. तें नाकां तेन्ना सहजतायेन पुसून उडोवंक ळटा.

- सं.

**गोंधळ :** एक देवपुजेचो विधी. हे विधींत देवीचे कृपेन मंगल-कार्यसिद्धी जाल्ले खातीर त्रीचे उपकार आठयतात. महाराष्ट्रांत अंबाबाई, भवानी, गुका अशा कुलदेवीचे भजक आशिल्ले, देशस्थ ब्राह्मण ानी मराठे हो विधी करतात. ह्या विधीक गोंधळ घालप हणटात आनी गोंधळ घालपाचें काम गोंधळी जातीचे लोक करतात.

गोंधळ घालपाचे विधींत एका पाटाचेर कलश दवरून ताचेर नाल्ल आनी आंब्या पानां दवरतात. पुजेच्या हेर सामाना वांगडा गोंधळाक आवश्यक अशी दिवटी आनी दिवटेक तेल घालपाची बुधली दवरून यजमान देवीची स्थापना कलशाचेर करता.

गोंधळ घालपाचें काम चार जाण करतात. गीत आनी कथेवरवीं निरूपण करता तो मुखेल गोंधळी. ताका 'नाईक' म्हणटात. ताका निरूपणांत आदार करपी ताचो एक सहाय्यक आसता. तांचे वांगडा वाद्यसाथ करपी समेळ आनी तुणतुणे वादक आसतात.

नाईक गोंधळाक सुरवात करचे पयलीं गण म्हणटा. उपरांत जगदंबेचें स्तवन करून देव-देवतांक गोंधळा खातीर फुडले प्रमाण आमंत्रीत करता.

**मोरेश्वरा गणा गोंधळा ये**
**तेहत्तीस कोटी देवा गोंधळा ये**
**वाईच्या गणपती गोंधळाये**
**कृष्णा कोयना गोंधळा ये**
**कोल्हापूर लक्ष्मी गोंधळा ये**
**नवलाख तारांगण गोंधळा ये**
**धरतरी माते गोंधळा ये**
**भक्ताच्या गणा गोंधळा ये**
**राहिले साहिले गोंधळा ये**
**आपल्या भक्ता प्रसन्न जाले.**

हें आमंत्रण गीत गायले उपरांत, नाईक गोंधळाच्या निरूपणाच्या पूर्व रंगांत देवीची तुस्त गायता आनी उत्तर रंगांत एखादें लोककथात्मक संगीत आख्यान सांगता. उपरांत देवीची आरती जातकच गोंधळ सोंपता.

गोंधळ हे विधीचो उगम खंयच्यान जालो हाचे संबंधी स्पश्ट संदर्भ मेळनात. हो विधी मुळांत भूतमातेच्या उपासनेकडेन संबंधीत आसा अशें आदल्या साहित्यांतल्या 'गोंधळ' ह्या उतराच्या संदर्भांतल्यान म्हणूं येता.

वयर उल्लेख केल्ल्या महाराष्ट्रांतल्या गोंधळ विधी

परस वेगळे रितीन गोंयांतय गोंधळ घालपाचो विधी जाता. फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गावांत, थंयच्या गज्यांतलक्ष्मीच्या शिगमोत्सवांत गोंधळ घालतात. फाल्गून वद्य उमाशे पयलीं येता त्या मंगळाराक हांगा गोंधळ मनयतात. ह्या गोंधळांत लाकडांचें होमखण पेटयतात. हीं लांकडा देवीचे भक्त आपली दान-सेवा ह्या रूपांत गोंधळा खातीर दितात. गोंधळाच्या मंगळारा सांजवेळा, देवीचो एक भजक -गांवकारी, (मानकारी) जाका 'गुरू' म्हणटात, तो देवीच्या हेर भक्तांक घेवन,त्या वाठारांतल्या देवा-दिकांच्यो, नाल्ल-विडो दवरून भेटी घेतात. भेटी घेतांना ते हातांत चुडी वा मशाली घेवन चलतात. मंगळारची रात सरल्या उपरांत, फांतोडेर, वर्सुकी धार्मीक विधी करतकीर 'गोंधळ' (होमखण) जाता. ह्या गोंधळा पयली उत्सवी नाटक जाता.

दिवचल तालुक्यांतल्या मुळगांवची ग्रामदेवता केळबाय हिच्या देवळांतल्यान भूतनाथ आनी रवळनाथ हांचीं तरंगां घेवन गांवचे मानकरी घुमटांच्या तालार लोकगितां म्हणीत, तरंगाची मिरवणूक काडटात. हाका मुळगांवचो गोंधळ उत्सव म्हणटात.

- सं. मं.

**गोपाळ कालो : पळयात → कालो**

**गोफ :** गोंय आनी महाराष्ट्रांतलो एक नामनेचो लोकनाच. हो नाच करपाक चार, स, आठ जोडयो वांटो घेतात. नाच करपी लोक श्रीकृष्णाच्या गोपांचो भेस करतात. दोनय पांयांचेर येसारकें कासाट्याचें धवें फुल्ल पुडवें, आंगांत धवें वा रंगयाळें शर्ट, तकलेक मुंडासो, गळ्यांत फुलांची माळ, पायांत घुंग्र्यो, चाळ असो तो भेस आसता. घुमट, शेमेळ, कासाळें, शेनाय, सूर्त हांचे साथीचेर हो नाच जाता.

नाचांत जितले लोक वांटो घेतात, तितल्यो रंगीबेरंगी कपड्याच्यो पट्ट्यो एकठांय करून तांच्या एका तोंकाक गांठ मारतात. ती गांठ माटवाच्या वांश्याक बांदतात.



मागीर तातुंतल्यान एक पट्टी आनी एक तोणी, वा हे दर नाचपी आपल्या दाव्या-उजव्या हातांत घेतात, मा एके लयींत दर एकलो एक-दुसऱ्याचे तोणयेचेर मार काय खिणां भितर सगळे नर्तक फेर धरतात आनी नाचा सुरवात जाता. नर्तक फाटी फुडें वतात आनी आप जागो बदलतात. तातुंतल्यान गायन, नाच, वादन लयींत त्या पट्ट्यांचो आपसुकूच गोफ विणून त जाता.

**शेंवते झाडाच्यो लांब ताळ्यो**
**लांब ताळ्यो शेंवते फुल्ल्यो कळयो**
**दोरी केली सुंभाची**
**पुजा केली गोफाची...**

गोफ विणटांना म्हणपी पदांतल्यो ह्यो कांय ओ आसात.

गोफ पुराय विणून जातकच नाचाक उरफाटी ग दितात. ताका लागून विणिल्लो गोफ हळूहळू सुटत वत गोफ पुराय सुट्टकच नाच थांबता. नाचाच्या विंगड विं प्रकारां प्रमाण म्हळ्यार नर्तकांच्या वेगवेगळ्य पदन्यासाप्रमाण गोफाचे तरेकवार वेंटे घडटात आ रंगरंगयाळ्या दृश्यांचे दर्शन घडटा.

हो नाच कलात्मक तेचपरी सुंदर आसा. कोंकणां आनी गोंयांत ह्या नाचाक खाशेलें म्हत्व आसा. गोंयां काणकोणच्या गोफाची बरीच नामना आसा. हो ना

ऱसो शिगम्या मांडार जाता.

**- कमलाकर म्हाळशी**

**गोफीण** : फातर मोखपाचें उपकरण : इंग्लिशींत ताका 'केटापल्ट' (catapult), ऩ्कृतांत 'गोफण' म्हणटात. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत ग्फणिचो उल्लेख आयला.

महाभारतांतल्या आदिपर्वांत 'चक्राश्म' आनी शुंडी' ह्या गोफणी सारक्यां साधनांचो उल्लेख ायला.

अश्मयुगांतले गोफणिचे फातर सापडल्यात. भारतांत ायजूय गोफणिचो वापर चलता. भिल्ल, गोंड सारक्या ादिवासींचें गोफीण हें खास उपकरण आसा.

**गोफणिचें स्वरूप** : तिनेक इंच लांबायेच्या आनी नेक इंच रूंदायेच्या चामड्याच्या कुडक्याक दोन ाराचे पटे बांदून त्या पट्ट्यांची दुसरीं तोंकां "Y" ह्या ग्लीश अक्षराच्या आकाराच्या लांकडाच्या केकल्याक



खाशेलें तरेन बांदून हें साधन तयार करतात. चामड्याच्या पट्ट्यांत फातर दवरून आनी रबराचे पटे नेटान ओडून तो फातर आपल्याक जाय ते वस्तूचेर मोखपा खातीर हें साधन वापरतात. रबराच्या पट्ट्यांचेर पडिल्लो ताण सैल करतकच फातराक गती मेळून तो ताणाच्या हिशोबांत वेग घेता.

आदल्या काळांत सुती दोरयेची गोफीण करताले. हे दोरयेचें एक तोंक हातांत धरपाक आनी दुसऱ्या तोंका कडचे खोळींत फातर दवरप जातालें. ही गोफीण हातांनी हवेंत गरगर वाटकुळी फिरयत खोळींतले फातर सुकण्याचेर शेवटिताले. आधुनिक रबराचे गोफिणीक पुर्तुगीज काळांत, बुर्रास म्हणटाले. बुर्रास हें उतर पुर्तुगीज आसून ताचो अर्थ रबर असो जाता.

गोफीण सादारणपणान शेतांतलें धान्य, झाडां वयलीं फळां, फुलां, घरांत वा घरा भायर सुकत घाल्ल्यो वा दवरिल्ल्यो वस्ती हांची सुकणीं, कुकडां, तेचपरी जमनीर भोंवपी जनावरां पसून राखण करपा खातीर ह्या सुकण्यां-जनावरांक चड मार नागनासतना धांवडावंक मेळचें म्हूण वापरतात.

आदल्या काळांत घरचे घरा गोफीणी तयार करताले. उपरांत त्यो तयार स्वरूपांत बाजारांत विकत्यो मेळटाल्यो. सद्याक तांचो वापर खुबूच उणो जाला. तरीय गांवगिऱ्या वाठारांनी आयज लेगीत कांय कडेन गोफिणीचो वापर जाल्लो दिसता.

**- सं.**

**गोमटेश्वर** : संसाराक अहिंसा तत्वाची दिक्षा दिल्ली जैन धर्मांतली एक मुखेल आराध्य देवता. गोमटेश्वर , गोम्मटेश्वर, गोमटस्वामी, बाहुबली अशा नावांनी ताका वळखतात. वृषभनाथ (ऋषभनाथ) ह्या आद्य जैन तीर्थनकाराचो गोमटेश्वर हो पूत.

गोमटेश्वराच्यो खूपश्यो भव्य मुर्ती कर्नाटक राज्यांत आसात. तातूंतली श्रवणबेळगोळ हांगची इ. स. 983 तली

मूर्त सर्वार्थान प्रचंड आसून ती सुमार साठ फुट उंच आसा. ही प्राचीन उठावदार आनी कलात्मक मूर्त. भारतांतलें हें एक अतिभव्य शिल्प आसा. हें शिल्प राछमल्ल ह्या गंगवंशातल्या राजाच्या कारकिर्दींत, ताचे पट्टराणीच्या आग्रहान चांमुडराय ह्या मंत्र्यान कोरावन घेतलें. दोडावेट्टा वा इंद्रगिरी ह्या नांवांन प्रसिद्ध आशिल्ल्या पर्वतार एकसंघ पाशाणार कोरावन घेतील्ली ही मूर्त आसा. मुर्तिचो रंग पिंगसो आसून गोमटेश्वर समभंग अयस्थेंत उत्तर दिकेक तोंड करून उबो आसा.

मुर्तिचो प्रत्येक अवयव प्रमाणबद्ध आनी घाटदार आसा. ध्यानमग्न दोळे, कोंगरे केस, मात्शी वयर उबारिल्ली खाडकी, विशाल छाती, रूंद खांदे हीं ताच्या शरीराचीं वैशिश्टां कलाकारान कुशळतायेन घडयल्यांत. ओंठावयले स्मितहास्य गूढरम्य दिसता. ताच्या कमरे मेरेन दोनी वटेन रोयणी दिश्टी पडटात. तातूंतल्यान फणाधारी सोरोप फुत्कार करता आनी थंयच्यान दोन वेली वाडून ताणीं गोमटेश्वराच्या मांडयांक वेटाळो घातला अशें दाखयलां. हाच्या वयल्यान ताच्या दिर्घकाळ तपश्चर्येची, थीर मन-निश्चय आनी एकाग्रचित्त हांचो प्रत्यय येता. वत,वारो, पावस हातूंत हजार वर्सां न्हांवन लेगीत ह्या शिल्पाची सोबीतकाय थोडी लेगीत कमी जावंक ना. मुर्तिच्या दाव्या पाया कडेन शिलालेख कोरायल्ले आसात. तातूंत ह्या शिल्पाची जडणघडण ह्या विशीं कन्नड भाशेंत म्हायती आसून निमाण्यो दोन ओळी देवनागरी लिपींत कोंकणी भाशेंत कोरायल्ल्यो आसा. त्यो ओळी अशो आसात :

1) श्री चामुंड राजे करवियले ।

2) श्री गंगराजे सुत्ताळे करवियले ।।

उपलब्ध बाहुबलीच्या मुर्तिंत पयली मूर्त ब्राँझ धातूची आसून ती इ. स. 6 व्या शतकांतली आसा. तिचे पांय आनी हात वेलीपानांनी रेवाडिल्ले आसा. तिच्या गोल तोंडार आध्यात्मिकतेची प्रभा दिसता. फाटीर आनी खांदार जटा पसरलेली आसा. ह्या मुर्तिचें थळ ज्ञात ना. ह्या उपरांतच्या काळांतल्या बाहुबलीची मूर्त बादामी (विजापूर जिल्हा, कर्नाटक) हांगची गुहेंतली पाशाणमुर्ती आसून ती



शिलालेखाच्या मजकुरा प्रमाण सातव्या शतकांतल आसा. वेरूळच्या (औरंगाबाद जिल्हो) इंद्रसभ लेण्यांतल्या दक्षिण वण्टीर कोरायल्ली बाहुबलीची मू अठराव्या शतकांतली आसून ह्या दोन मुर्तिंची घड सारकीच आसा.

देवगड हांगच्या शांतिनाथ, मंदिरांत बाहुबलीची ए मूर्त आसा. मुर्तिच्या आंगार वेली आनी नाग हांच्या भाय हेर प्राणी दिसतात. शैलीकरणा वयल्यान ही मूर्त नवव्य शतकांतली आसूं येता.

गोमटेश्वराची पारंपारीक कथा अशी : वृषभनाथा आपलें राज्य भरत आनी गोमटेश्वर ह्या दोन पुतांक वाटू दिलें आनी आपणेन संन्यास घेतलो. तेन्ना भरत दिग्वजयाव

ााक भायर सरलो. गोमटेश्वरान ताका वचपाक आपलो र दिलो. आनी ताणें म्हटलें. "हांव गुणांचो उपासक ा. गुणांफुडें हांव नम्र जातलो. सार्वभोम राजामुखार ात हांव नम्र जावचों ना. मागीर व्हडल्या भावामुखार तर ." हाका लागून दोगांय मदीं झूज निर्माण जालें. पूण वसंहार टाळपा खातीर ताणीं द्वंदयुद्ध करपाचो निर्णय नो. दृष्टियुद्ध, जलयुद्ध आनी मल्लयुद्ध हातूंत भरताचो नव जालो. निमणें ताणें आपलें चक्र सोडलें. पूण तेंवूय टेश्वरान (बाहुबलीन) परतीलें. हे सगळे घडणुकेंतल्यान बलीक वैराग्य प्राप्त जालें. बाहुबलीन आपलें सगळें य भरताक दिवंन स्वता तपश्चर्या करपाचो निर्णय घेतलो. खूब वर्सां तपश्चर्या करून ताका शांती मेळ्ळी ना, तेन्ना ा व्हडलो भाव भरत चिंतीत जालो. वृषभनाथाक ताणे ां कारण विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें की, तुज्या राज्यांत तप करीत आसा. हें ताका खंतिता. ताका लागून ताची सिद्धी फलद्रूप जायना. आनी ताका लागून भरतान 'ही त्री कोणाचीच न्ही, तू तुज्या मनांतलें शल्य काडून य". अशें सांगलें. हें बाहुबलीन मान्य केल्या उपरांत ा ज्ञान प्राप्त जालें. ताची ध्यान साधना इतकी थीर मली की ध्यान मग्न अवस्थेंत आसतांना ताच्या थीर ीचेर वाली वयर सरूंक पाविल्ल्यो.

उपरांत तेजस्वी म्हापुरूसांच्या जीवनाची सदांच याद त्री म्हण ताच्यो ल्हानमोट्यो मुर्त्योजैन धर्मियांनी रावन घेतल्यो.

श्रवणबेळगोळच्या मुर्तिचो आद्य नमुनो दोळ्यासामकार रून अशा प्रकारच्यो मुर्त्योघडयल्यो. कोल्हापूर ल्ल्यांत कुंभोजलागीं गोमटेश्वराच्या अशाच एका 6 मी. ायेच्या भव्य मूर्तिची प्रतिष्ठापना केली. जून 1975 त ग्रा हांगा एका भव्य गोमटेश्वराच्या मूर्तिची स्थापना ली.

कर्नाटकांत श्रवणबेळगोळ, वेणूर, कार्कल, स्तिहळ्ळी आनी धर्मस्थळ हांगा बाहुबलीच्यो व्हड मूर्ती ासात. वेणूरची मूर्त 38 फूट आसून तिची स्थापना, वीर म्मण्ण आजिल हाणे, इसवी सन 1604 त केल्ली. कार्कळाची 42 फूटी मूर्त इसवी सन 1432 तली आसून ती वीरपांडय राजान स्थापीत केल्ली. तिका 'शम्भू शिल्पी' ह्या नांवांन वळखतात. धर्मस्थळांतली मूर्त, धर्मस्थळाचो स्वामी विरेंद्र हेगडे हाणे स्थापीत केल्ली आनी तिचो शिल्पकार कार्कलचो रेंजाळ गोपाल शणै आसलो. म्हैसूरांतल्या गोम्मटगिरींतली 16 फूटी मूर्त आसून तिका दर वर्सा सप्टेंबर म्हयन्यांत मस्तकाभिशेक जाता.

श्रवणबेळगोळची, गोम्मटेश्वराची मूर्त हें एक अप्रतीम अशें शिल्प आसा. तिचे रचणुकेंतली प्रमाणबद्द अशी सोबीतकाय, तिच्या तोंडा वयलें गूढ पूण रम्य अशें हासतें भाव आनी ताची भव्यताय हाका लागून हे मुर्तीसंबंधी एक आकर्शण निर्माण जाता. हे मुर्तीचो दर बारा वर्सांनी, उदक, दूद, धंय, गंध अशा पदार्थांनी मस्तकाभिशेक करता. हो मस्तकाभिशेक ही भाविकां खातीर एक व्हड धार्मीक पर्वणी आसता. ह्यावेळार देशी परदेशी पर्यटक येवन हो भव्य - दिव्य असो सुवाळो तोखेतात.

**- सिद्धापूर वासुदेव भट्ट**

**गोमंतक मराठी अकादमी** : मराठी भास, साहित्य, कला, शिक्षण आनी संस्कृताय हांचे उदरगती खातीर वावुरपी गोंयची म्हालगडी संस्था. तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी हाचे हस्तुकीं हे अकादमीचें उक्तावण 2 जानेवारी 1988 दिसा जालें.

मराठी भाशेक राजभाशेचो हक्क मेळचो म्हणून गोमन्तकीय मराठी भाशिकांचो मेळावो पणजेच्या आझाद मैदानाचेर आयोजीत जाल्लो. ह्या मेळाव्यांत मराठी भाशेचे हक्क, तिची उदरगत आनी तिचे वरवीं मराठी भाशिकां मदीं एकचार सादपाची मोख आशिल्ली एक शिखर संस्था उबारची असो विचार जालो आनी तो विचार गोमंतक मराठी अकादमी हे संस्थेच्या रूपांत प्रत्यक्षांत आयलो.

हे संस्थेची संकल्पना तशें तिची स्थापना आनी फुडली जडण-घडण करपांत गोंयातल्या 'गोमंतक' दिसाळ्याचे

आदले संपादक, सर्गेस्त नारायण आठवले हांचो व्हड हातभार लागला. अकादमीचे पयले अध्यक्ष सर्गेस्त शशीकांत नार्वेकर हांचें अकादमीच्या आरंभाच्या काळांत, अकादमीक व्हड योगदान लाबलां. उपरांतच्या अध्यक्षांच्या मार्गदर्शनाखाला अकादमीच्या वावराक फाव ती गती मेळून तिचो उद्दीश्ट पुर्तीचो वावर जायत आसा.

सुरवेक अकादमीचो प्रशासकीय वावर पणजे भाड्याचे जागेंत जालो. सद्याक अकादमीचो वावर अकादमीच्या पर्वरी हांगाच्या 'मराठी भवन' हे स्वतंत्र इमारतींतल्यान चलता.

**अकादमीचे उपक्रम :**

**1. थळावी संस्कार केंद्रां :** अकादमीवतीन सुमार 60 अशा केंद्रांनी गांवांगांवांनी मराठीचे संस्कार करपाचें कार्य चलता.

**2. संमेलनां, मेळावे, कार्यशाळा :** युवा संमेलन, भजन संमेलन, नाट्य महोत्सव, दशावतारी नाट्य महोत्सव, अभिजात संगीत नाटक गायन सर्त, महिला मेळ, पालक-मेळ, बाल वाचक मेळ, सृजन मेळ, कथा शिबीर, कविता शिबीर, शिक्षण - कार्यशाळा.

**3. साहित्य प्रकाशन :** अकादमीन प्रकाशीत केल्लीं कांय मौलीक प्रकाशनां :

अ) गोमंतकीयांच्या राष्ट्रीयत्वाचा ऱ्हास (अनुवादीत) (मूळ लेखक : टी. बी. कुन्हा)

आ) गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनातील अध्यक्षीय व स्वागताध्यक्षीय भाशणां

इ) इतिहासाच्या दृष्टीकोनातून गोमंतकातील मराठी परंपरेचा उद्गम व विकास - पां. पु. शिरोडकर

ई) भारतकार हेगडे देसाई हांचे निवडक अग्रलेख (दोन खंड)

उ) गोमंतकीय मराठी वाङ.मयाचा इतिहास (2 खंड)

ऊ) महदनुभवेश्वरी - संत सोहिरोबा आंबिये (पुनरप्रकाशन)

ए) गोमंतकाची भाषा - बाळकृष्ण वामन सावर्डेकर (पुनरप्रकाशन)

ऐ) 'मैत्र' नियतकालीक

**अनुदान 4) पुरस्कार :** पुस्तक प्रकाशन - आर्थी अनुदान, साहित्य पुरस्कार, पुस्तक खरेदी येवजण

**5) चित्रपट :** अकादमीन निर्माण केल्ल्या 'एक सागर किनारी' लघुपटाक राश्ट्रीय राष्ट्रपती पुरस्कार प्रा जाला.

**6) वाचपघर :** अकादमीच्या मराठी भवनांत एक सुसज्ज वाचपघर आसा. हांगा दुर्मीळ अशीं पुस्तकां नियतकालिकां, वर्तमान पत्रां अनी हेर संदर्भ साहित्य उपलब्ध आसा.

**- महादेव वि. गवंडे**

**गोमंतक क्षत्रीय मराठी समाज : पळयात → समाज कोंकणी**

**गोमन्त विद्या निकेतन :** सामाजीक आनी सांस्कृतीक मळा वावर करपी एक आदली संस्था. ही संस्था 19 मार्च 1912 दिसा मडगांव (गोंय) हांगा स्थापीत जाली. पयलें हे संस्थेचें नांव 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' अशें आशिल्लें. उपरांत 16 मार्च 1961 दिसा तें 'गोमन्त विद्या निकेतन' अशें बदल्लें. सर्गेस्त यशवंतराव सूर्यराव सरदेसाय, स. भिकाजी पुरूषोत्तम पै बाळे, स. काशिनाथ दामोदर नायक, स. केशव अनंत नायक, स. सदाशिव वासुदेव केंकरे, स. गोविंद सखाराम पाणंदीकर, स. रामचंद्र व्यंकटेश नायक, स. रामकृष्ण नारायण बाळे, स. केशव कृष्णा नायक, स. अच्युत नायक हे संस्थेचे संस्थापक वांगडी आशिल्ले.

1910 हो काळ गोंयचो सामाजीक-राजकीय नदरेन म्हत्वाचो आशिल्लो. गोंयांत तेन्ना सारस्वत समाजांत एकी-बेकी अशे दोन गट पडिल्ले. तांचेमदीं तेन्ना संघर्श सुरू आशिल्लो. गौड सारस्वत समाजांतल्यो उपजाती एकठांय येवच्यो असो एकी गटाचो आग्रो आशिल्लो, तर



गोमन्त विद्या निकेतन संकूल (पोरने)

हांच्या महाराष्ट्रांतल्या पुरोगामी चळवळिंचो प्रभाव आशिल्लो. तांणी संस्थेची दारां सगळ्या जातीधर्माच्या लोकां खातीर उक्तीं दवरलीं. हे संस्थेचें काम, वेगवेगळ्यां विभागांखाला, फुडें दिल्ल्याप्रमाण चलता :

**कलाविभाग** : गोमन्त विद्या निकेतनाचो एक म्हत्वाचो घटक म्हणजे 'कलाविभाग' हो संस्थेचो फांटो नाटक आनी संगीत मैफली सातत्यान आयोजीत करीत आसा. अखिल गोवा मराठी नाट्य सर्त आनी नाट्य महोत्सव, ह्या विभागाखाला आयोजीत करता.

**अनाहतनाद** : हो भारतीय शास्त्रीय संगीताचो महोत्सव. राष्ट्रीय किर्तीचे कलाकार तशेंच गोमंतकीय कलाकार आपली कला ह्या महोत्सवांत सादर करतात.

**विचारवेध** : हो संस्थेचो वर्सुकी ज्ञानयज्ञ. ही व्याख्यानमाळ 3 ते 4 दीस चलता. दत्ता गोविंद पै रायतुरकर स्मृती व्याख्यानमाळ, बाबुसो कामत स्मृती व्याख्यान, श्रीनिवास नायक स्मृती व्याख्यान, दामोदर कृष्ण वेर्लेकर स्मृती व्याख्यान अशी गोमन्त विद्या निकेतनाच्या विचारवेध व्याख्यानमाळेंत अनेक मान्यवरांचे विचार लोकां मेरेन पावल्यात.

**काव्यमैफल** : ही भोवभाशीक कविता वाचनाची कार्यावळ. हातुंतल्यान अनेक कवींचे काव्यसंग्रह उजवाडाक आयल्यात.

**शिश्यवृत्ती** : देणगीदारांनी संस्थे कडेन सुपूर्द केल्ल्या विद्या निधींतल्यान आनी संस्थेच्या निधींतल्यान पात्र विद्यार्थ्यांक शिश्यवृत्त्यो दितात.

**वाचप घर** : संस्थेचे सुसज्ज आनी समृद्ध वाचपघर भुरगीं आनी जाण्यां खातीर सदांच उक्तें आसता. ह्या

की गटाची भुमिका विरोधी आशिल्ली. ह्या संघर्शांत रोगामी विचारसरणिच्या एकी गटाक जैत मेळलें. त्याच ाळांत पुर्तुगालाक एक इतिहासीक घडणूक घडली. ांतिकारांनी राज म्हालांत प्रवेश करून देशाची राजकीय ुत्रां हातांत घेतलीं. राजा मानुएल हाणें त्यावेळार पलायन ल्लें. पुर्तुगालांत राजेशाही सोपली आनी पुर्तुगाल जासत्ताक जालें. तेन्ना प्रजासत्ताक पुर्तुगालान गोंयाचेर ाल्ले निर्बंध सदळ केल्ले. ह्या काळांत संस्थेचे संस्थापक वांगडी 17 ते 18 पिरायेचे तरणाटे एकठांय आयले आनी तांणी गुडीपाडव्याच्या म्हुर्तार 19 मार्च .912 दिसा 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' संस्था स्थापन ली. संस्थेचे नांव 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' दवरिल्लें न्ना तातूंत जातीयवादाचो अंश नाशिल्लो. एकी गटाक ैत मेळटकीर तांणी ते संस्थेक तें नांव दवरलेलें. त्या रणाट्यांचेर ज्योतिबा फुले, गोपाळ गणेश आगरकर



गोमन्त विद्या निकेतन (नुतनीकरणा उपरांत)

**पुरस्कार :** श्री. केशव अनं नायक स्मृती समाजसेवक पुरस्कार संस्थेचो एक संस्थापक आद समाजसेवक, संस्थेचो कारभा आपल्या खांदार दीर्घकाळ मे पेलपी कार्यकर्तोकेशव अनंत नाय हाच्या 85 व्या जल्मदीस निमता संस्थेवतीन 1980 वर्सा सत्का केल्लो. ह्या वेळार संस्थेचे अध्य श्री. भगवंतराव नायक हाणें 'श्री केशव अनंत नायक स्मृत समाजसेवक पुरस्कार' दिवपा थारायलें. तेन्ना सावन दर वर्सा हो पुरस्कार दिवन समाजसेवकांचे भोवमान करतात.

वाचनालयांत मराठी, इंग्लीश, पोर्तुगीज भासांतलीं सुमार 29,000 वयर पुस्तकां आसात. तशेंच हांगा विंगड विंगड नेमाळीं वाचूंक मेळटात.

**मराठी विज्ञान परिशद :** गोंय विभाग : 32 वें अखिल भारतीय मराठी विज्ञान परिशदेचें अधिवेशन 1997 वर्सा संस्थेचे आदले अध्यक्ष स. कृष्णनाथ बाबुराव नायक हाचे अध्यक्षतेखाला कुशळतायेन आयोजीत जालें.

हे संस्थेन 22 वें अखिल गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलन : 1996 वर्सा आयोजीत केल्लें.

गोमन्त विद्या निकेतनचीं प्रकाशनां :

1) गेल्या पाव शतकांतील गोमंतक - 1928
2) गोमंतकाची सांस्कृतीक घडण - 1968
3) माझे समकालीक - 1968
4) स्मृतीची चाळिता पाने - 1972
5) समाजसेवेची पाच तपे - 1972
6) काही खरे काही खोटे - 2001
7) ध्यास पंथी - 2006
8) वाय - 2010
9) काव्यमैफल - 2010

पिरूबाय दलाल स्मृती : घराण्याची प्रतिशा परंपरा, समाजाची बंधनां हातुंतल्यान कोणाकूच थोडें लेगीत त्रास दिनासतना, धैर्य, धाडस आनी चिका हांच्या बळार समाजांत स्वता खातीर एक वेगळें स्था निर्माण केल्ली आनी दादल्याप्रमाण वेपार धंद्यांत आनी गिरणिच्या कारभारांत लक्ष घालून आपल्या कुटुंबाचे आर्थीक घडी उखलपाक जिणें पावलां उखल्लीं ते स. सौ. सावित्रीबाई ऊर्फ पिरूबाई दलाल हिच्या नांवान हो पुरस्कार दितात. स्वता आत्मनिर्भर जातना हेरांकूय आत्मनिर्भरतेचे मार्ग दाखोवपी उद्यमी महिलांक हो 'पिरूबाय दलाल स्मृती स्वयंसिद्धा पुरस्कार' दितात.

काशिनाथ दामोदर नायक स्मृती, सामाजीक कृतज्ञता पुरस्कार : संस्थेचो संस्थापक वांगडी स. काशिनाथ दामोदर नायक हाच्या नांवान सुरू केल्लो पुरस्कार सामाजीक शैक्षणिक कार्या खातीर एके संस्थेक प्रदान करता.

कविवर्य दामोदर अच्युत कारे स्मृती गोमन्त देवी पुरस्कार : प्रसिद्द गोंयकार कवी दामोदर अच्युत कारे हाचे जयंती निमतान ताच्या घरच्यांनी दिल्ल्या देणगींतल्यान

ोदर अच्युत कारे स्मृती - गोमन्त देवी पुरस्कार सुरू नो. दरवर्सा मराठींतल्या एका व्हड कवीक हो पुरस्कार यता.

**साहित्य पुरस्कार** : संस्थे वतीन राज्यांतल्या नवोदीत ाठी लेखकांक प्रोत्साहन मेळचें म्हणून साहित्य स्कार भेटयतात. तातूंत समिक्षा गट, प्रवास वर्णन आनी लसाहित्यांचो आसपाव आसता.

गोमन्त विद्या निकेतन सभाघर : संस्थेचे इमारतींत एक नज्ज सभाघर आसा. हांगा मुखेलपणान नाटकां, यात्र, परिशदो, संगीत सभा आयोजीत जातात.

**- सं. मं.**

**. गोमंतेश्वर देवस्थान (ब्रह्मपुरी - गोंय)** : पोन्ने गोंय हांगचें एक देवस्थान.

भिक समाजा खातीर पोरण्यां गोंयां श्री ब्रह्मपुरी ह्या नेहामीक नामनेच्या क्षेत्रांत नाभिक समाजान बांदिल्लें वूळ. हें देवूळ दोंगर कापून केल्ले सपाट सुवातींत आसा. के 1957, तारीख 27 फेब्रुवारी 1935 दिसा ब्रह्मपुरींत हाशिवरात्रेची जात्रा भरिल्ली. भगवान रामकृष्ण महंसाचे शिष्यपरंपरेतलो रामेश्वराचो ब्रह्मानंद गिरी योगी राज हो थंय पावलो आनी थंयचें देवूळ बांदपाचें कार्य ळोवन ताणें ताका बरें यश आंवडिलें. तेचप्रमाण ताणें ापल्या कडलें शिवलिंग, हनुमान, गणपती, नाग आनी दी ह्यो पांच मूर्ती वेवस्थापक मंडळाचे स्वाधीन केल्यो ानी देवूळ बांदून जातकच थंय त्यो स्थापन करपाक ांगलें.

श्री गोमंतेश्वर शिवलिंगाची प्राणप्रतिष्ठापना शुक्ल ादशी शके 1869, तारीख 2 मे 1947 ह्या शुभ म्हुर्तार ाली. देवस्थानाचे घटनेप्रमाण नाभिक समाजांत 18 र्सां पुराय जाल्ल्या दादल्याक 'म्हाजन' ही संज्ञा मेळटा.

देवूळ उत्तराभिमुख आसून तातूंत श्री गोमंतेश्वराची काळ्या पाशाणाच्या शिवलिंगाची) प्राणप्रतिशठा ल्ली आसा. म्हापुजे उपरांत ताचेर चांदीचो मुखवटो वचा सकट बसयतात आनी ताचे फाटल्यान प्रभावळ बसयतात. श्री गोमंतेश्वर लिंगा सामकार काळ्या पाशाणाचो श्री नंदिकेश्वर आसून श्री शिवलिंगाचे उजवे वटेन संगमरवरी श्रीगणपतीची मूर्त आसा. हाची सोंड उजवे वटेन वळिल्ली आसा. फाटल्यान श्री दत्तात्रय मुर्त आसा. देवळाच्या घुडाचेर ताम्रकलश आसा. ह्या देवळालागींच 'माधव तीर्थ' आसा. आगरसाळीचे उदेंतेक कांय अंतरावेले शिमेरूच पोरण्या वडाच्या रूखा कडेन ब्रह्मराक्षस आसा, असो समज आसा. देवळाच्या वाडदिसाच्या सुवाळ्याक देवळाचो पुजारी ह्या ब्रह्मराक्षसाक निवेद्य दाखयता.

दरेक सोमार ह्या देवस्थानांत अभिशेक, निवेद्य आदी देवकृत्यां जातात. खंयच्याय स्पृश्य हिंदूक आपल्या हातान हांगाच्या शिवलिंगाचेर अभिषेक करपाक मेळटा. वैशाख शुक्ल द्वादशीक प्रतिष्ठापन दीस म्हूण सांजेचो शिबिकोत्सव आसता. माघ कृष्ण चतुर्दशीक महाशिवरात्र हो वर्सुकी महोत्सव आसता. ह्या दिसा पुराय कोंकणांतले भावीक अभिशेक करपाक येतात. तशेंच ह्या दिसा हांगा मोटो उत्सव जाता. ह्या वेळार भाविकांची उपाट गर्दी जाता. प्रदोशकाळांत तिळसांजची पालखी आसता. ते उपरांत नाटकां जातात. ह्याय वेळार भाविकांची उपाट गर्दी जाता.

ह्याच नांवांचें आनीक एक देवूळ मुरगांव-गोंय हांगा आसा.

**- सं. मं.**

**गॉमिश, फ्रांसिश्कु लुईस** : (जल्म : 31मे 1829, कोलमरड - नावेली, गोंय. मरण : 30 सप्टेंबर 1869, भूंयमध्य दर्या)

एक नामनेचो गोंयकार अर्थशास्त्री, बरोवपी, पत्रकार, पोर्तुगालचे लोकसभेचो खासदार आनी व्हड देशभक्त. बापायचें नांव फ्रांसीस साल्वादोर गॉमिश, आवयचें नांव दोना आध्यादात्त फ्रांसिस्का फुर्तादु.

कोंकणी भाशे वांगडा, पुर्तुगीज, इंग्लीश, इटालीयन,



लॅटीन, फ्रेंच आनी मराठी ह्यो भासोय ताका कळटाल्यो. गणित, भुगोल, भौतिकशास्त्र, इतिहास, तत्वगिन्यान ह्या विशयांत ताका बरी जाण आसली. मडगांवां लिसेव शिक्षणाची सुरवात करून 1846 वर्सा पणजे ताणे तें पुराय केलें, आनी गोंय वैजकी कॉलेजांत प्रवेश केलो. 1850 वर्सा ताणें बरें येस जोडून वैजकी पदवी घेतली.

ताच्या येसाक लागून पणजे लश्करी हॉस्पिटलांत आदारी शल्यविशारद म्हूण ताका नेमलो. उपरांत फोंड्या म्हालांत ताची बदली जाली. थंय वायटकारांची सेवा करून ताणें व्हड नांव जोडलें. जून्त जराल दु दिश्त्रीतु ह्या सभाघराचो प्रोकुरादोर (ॲटर्नी) म्हूण वेचून आयलो. पोर्तुगालाक आसतना 'Gazeta de Portugal' (गाझेत द पुर्तुगाल) Archivo Pittoresco (आर्किव्ह पितोरेश्कु) आनी उपरांत Revolucao de Setembro (रेव्होलुसांव द सेतेंब्रु) Diario Popular (दियारियु पोपुलार) ह्या पोर्तुगेज नेमाळ्यांनी संपादकीय लेख बरयले. वैजकी, अर्थशास्त्र, वेपार-धंदो, जमनीचे प्रस्न, समाजशास्त्र, कादंबरी असल्या विशयांचेर पोर्तुगेज आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान पुस्तकां बरयलीं. आदल्या काळांत जशे ब्राह्मण हेर जातींचेर सत्ता गाजयताले, तशेच युरोपी मनीस दुसऱ्या देशाचेर सत्ता गाजयतात. खऱ्या अर्था आयचे ब्राह्मण तेच, असो विचार तांणे आपल्या 186 त उजवाडाक आयिल्ल्या Os Brahmanes (अ ब्रामानिश) ह्या कादंबरीत मांडला. आरमांद मिनेझी हाणें हे कादंबरीचो The Brahmins म्हूण अणकार केल तर लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणें 'ब्राह्मण' ह्या नांवां खाल मराठींत अणकार केला.

Le Marquis de Pombal - Esquisse de sa vi Publique (1969) (ल मार्कोस द पोंबाल - एस्कीस सा व्ही प्युब्लीक) हें ताचें फ्रेंच भाशेंतलें निमाणें पुस्त आसलें.

आपल्या वैजकी आनी हेर सामाजीक वावराक लागू ताचें व्हड नांव जालें. 1860 वर्सा ऑगस्ट म्हयन्यां जाल्ले वेंचणुकेंत साश्ट उमेदवार म्हण फ्रांसिश्कु गॉमि हाका वेंचून काडलो. पार्तीदु इंदियानु ह्या पक्षाचे वती सरकारी उमेदवाराक ताणें हारयलो. सुमार 8 वर्सां त पोर्तुगालाक उरलो. लोकांक न्याय आनी नीत मेळच म्हूण तो लोकसभेंत 'रेजेनेरादोर' (पुरोगामी) नांवांच्य पक्षाचो भागीदार रावलो.

'आमचे स्वामी येशूख्रिस्त हाच्या फौजेचो सरदार' ह पदवी तांका मेळ्ळी. लिस्बोआ वैजकी शास्त्र, पॅरिसांतल राज्यशास्त्र, अर्थशास्त्र संस्था, कांदीज (स्पेन अर्थशास्त्र संस्था आनी मुंबय हांगाच्या 'रॉयल एशियाटिक सोसायटी' असल्या नांवा रूपांत आशिल्ल्य संस्थांचें ताका वांगडीपद मेळ्ळें. लूव्हॅ विद्यापीठा राज्यशास्त्र आनी समाजशास्त्रातली मानद डॉक्टरे पदवी ताका दिली.

O Ultramar (उ उल्त्रामार) आनी O Defenso de Verdade (उ देफेन्सोर द व्हेर्दाद) ह्या नेमाळ्यांनी ताचे जायते लेख उजवाडाक आयले.

गोंयच्या नावेली गांवांतल्या सरकारी वाचपघराक ताचे नांव दिलां. पणजे कांपाल वाठारांतल्या एके बागे ताचो पूर्णाकृती पुतळो उबो केलां.

- सं. मं.

गोमूत्र (गोमूत) : पळयात → गोरवां

**गोंय विश्वविद्यालय** : गोंय राज्यांतलें हें एकमेव विद्यापीठ आसा. हाची ापना 1985 त जाली. ती जावचे पयलीं गोंयांत व्युत्तर शिक्षणाची सोय मुंबय विद्यापीठ संचालीत सेंटर र पोस्टग्रॅज्युएट इन्स्ट्रक्शन्स ॲण्ड रिसर्च ह्या पणजेंत र्यरत आशिल्ल्या ल्हानशा केंद्रावतीन ताली. सुरवेक जरी ह्या केंद्रान गोंयच्या व्युत्तर शिक्षणाची गरज भागयली तरी रांतची वाडटी मागणी पुराय करप ह्या र्यादीत स्वरूपाच्या केंद्रा कडल्यान जावप क्य जायनासलें. तेभायर ह्या केंद्राचेर बयच्या विद्यापीठाचें नियंत्रण ाशिल्ल्यान गोंय सरकाराक आपलें क्षणीक धोरण जारी करूंक अडचण ताली. हे फाटभुंयेर गोंया खातीर एक स्वतंत्र विद्यापीठ ासचें हो विचार मुखार आयलो. गोंय सरकारान मुंबय द्यापिठा कडेन भासाभास करून गोंयांत आशिल्लें पदव्युत्तर केंद्र, ताचें मनीसबळ आनी साधनसामुग्री सयत गोंय विद्यापीठांत विलीन केलें.




सुरवेचीं पांचेक वर्सा गोंय विद्यापीठ बांबोळेच्या गोवा वैजकी महाविद्यालय आनी हॉस्पीटला खातीर बांदिल्ल्या संकुलांत कार्यरत आसलें. उपरांत गोंय विद्यापिठाचो स्वतंत्र प्रकल्प ताळगांवच्या पठारार बांदलो आनी 1990 सावन एकेक करून सगळे विभाग बांबोळेच्यान ताळगांवांत स्थलांतर केले. गोंय विद्यापीठाची शिक्षणीक तसो प्रकल्प बांदावळीच्या बुनयादी वावरांत विद्यापिठाचो पयलो उपकुलगुरू प्रो. बी. शेख अली हांचें योगदान व्हड आसा.

गोंय विद्यापीठांत 12 शिक्षणाचे फांटे 24 पदव्युत्तर विभागांनी शिकयतात. हातूंत भास आनी साहित्य, सामाजीक विज्ञानां, सैमीक विज्ञानां, जीवशास्त्र विज्ञानां, पर्यावरण, कला, संगीत, वाणिज्य, वेवस्थापन, शिक्षण, विधी, अभियांत्रिकी, वैजकी, वखदशास्त्र, आदी शास्त्रां आसपावतात. हातूंतले वेवसायीक अभ्यासक्रम



वाचपघर

(अभियांत्रिकी, वैजकी, वखद, विधी, शिक्षण, कला, संगीत आदी) संलग्न महाविद्यालयांनी शिकयतात आनी हेर फाट्यांतलें पदव्युत्तर शिक्षण विद्यापिठांतल्या विभागांतल्यान दिता. 47 वेवसायीक आनी बिनवेवसायीक म्हाविद्यालयां गोंय विद्यापीठा कडेन संलग्न आसाता. एम. ए, एम. एस.सी, एम कॉम, एम. एफ एस, एम बी. ए., एम. सी. ए., एम फील पीएच डी, पोस्ट ग्रज्युएट डिप्लोमा अशा शिक्षण अभ्यासक्रमांत हजारभर विद्यार्थी शिक्षण घेतात. विद्यापीठा कडेन सलग्नीत महाविद्यालयांत एकवीस हजार विद्यार्थी पदवेचें शिक्षण घेता.

तेभायर पदव्युत्तर विभागांनी आंतर विभागी आनी आंतर शाखी शिक्षण आनी संशोधन चलता. बायोटॅक्नोलॉजी, बायोडाव्हर्सिटी, मरीन मायक्रोबायोलॉजीक एकोलॉजी आनी एनव्हायरमेंट, टुरिझम, रिमोट सेन्सींग आनी एटमोसफिरींग ऑशेनीक डायनेमिक्स मरीनटायम हिस्ट्री, ह्युमन रायटस, वुमन एनपावरमेंट हे तातुंतले मुखेल विभाग आसात.

2001 वर्सा विद्यापीठाक युजीसी कडल्यान चार नकेत्रांचो पावंडो मेळ्ळा.

विद्यापिठांतलो कोंकणी विभाग हो संसारांतलो एकमेव पदव्युत्तर कोंकणीचें शिक्षण दिवपी विभाग आसा. ह्या विभागाची स्थापना 1987 वर्सा जाली. ह्या विभागांत कोंकणी विशयांत एम. ए. आनी पीएच. डी पदव्यांचें शिक्षण घेवपाची सोय आसा. ह्या विभागा अंतर्गत अस्मिताय दालन चालू आसा. 2012 मेरेन ह्या विभागांतल्यान सुमार 400 विद्यार्थ्यांनी एम.ए. चें शिक्षण पुराय केलां आनी पांच विद्यार्थांनी पिएचडी पदवी घेतल्या.

गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्वकोश विभागान कोंकणींतलो पयलो वयलो चार खंडी कोंकणी विश्वकोश तयार करून, कोंकणी भाशेच्या ज्ञान साहित्यांत मोलाची भर घातल्या.

गोंय विद्यापिठाचें गिरेस्त अशें वाचपघर आसा आनी तातूंत सगळ्यां फांट्यांच्या विशया वयलीं पुस्तकां तशीं नियतकालिकां उपलब्ध आसात. युजीसी वतीन चलपी अध्यापक प्रशिक्षण महाविद्यालय गोंय विद्यापिठांत आसून थंय गोंय आनी शेजारच्या राज्यांतल्या महाविद्यालयीन आनी विश्वविद्यालयीन शिक्षकां खातीर सेवा अंतर्गत प्रशिक्षण दितात.

विद्यापिठाचो संस्थापक उपकुलगुरू प्रो. बी. शेख अली आसलो. उपरांतचे डॉ. पी. आर. दुभाषी प्रो. एन. सी. निगम, प्रो. बी. एस. सोंदे, प्रो. पी. एस. झाकारियस, प्रो. दिलीप देवबागकर आनी सध्याचे डॉ. सतीश शेटये हे उपकुलगुरू आसात.

- डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा

- राखी वि. आमोणकार

**गोरवां (गाय, बैल, म्हस, रेडो) :** कणाधारी, सस्तन, समखुरी, रवंथी प्रकारांतली पाळीव मोनजात. हे मोनजातींत गाय, बैल, म्हस, रेडो, गायचीं पोरां पाडकां आनी म्हशिचीं पोरां रेडकां हांचो आसपाव जाता. ह्या प्राण्यांचो खुबश्या तरांनी उपेग जाता आसलो तरी मुखेलपणान दूद, मांस आनी शेत कामा खातीर ह्या प्राण्यांक पोसपाची मनशाची परंपरा खूब आदी काळासावन आसा. मनशाचे भटके अवस्थेंतलें, अन्नाखातीरचें प्राण्यांची शिकार करपाचें काम सोंपले आनी मनशान राबित्या स्वरूपाचें शेतकाम सुरू जालें. तेन्नाच्यान मनशान गोरवांक लागीं केलीं अशें तर्कसंगत सांगप आसा.

**गाय :** एक पाळीव मोनजात

संघ (phylum) - कणाधारी (Chordata) गण (Class) - सस्तन (Mammalia); वर्ग (Order) - समखुरी (Artiodactyla) उपवर्ग - रवंथी (ruminantia) कूळ (Family) - गोकुळ (Bovidae) उपकूळ - बोव्हिनी, प्रजाती (genus) बॉस, जाती (species) 1) बॉस टॉरस (वशिंडविरयत) 2) बॉस इंडीकस (वशिंडधारी).



म्हशीचें दूद काडटना

गो म्हणजे गाय. संस्कृतांत 'गो' शब्दाचो अर्थ गाय ानी बैल दोगांकय लागता. 'गो' शब्दाचे इंद्रिय, किरण, णी, दोळे आदी अशे तरेचे खुबशे अर्थ संस्कृतांत ळटात. पूण ताचो मुखेल अर्थ गाय वा बैल असो ासा. इंग्लिशींत तिका 'काव' (cow) म्हणटात.

गाय आनी बैल हांचो आंगलोट (शरीर रचना) रकीच आसता. गाय दिसपाक देखणी आनी नाजूक ासता. तिचो रंग धवो, काळो, हळडुवो वा तांबूस ासून, तिच्या आंगार मदीं मदीं धवे, काळे वा हळडुवे बे आसतात. तिचे केंस मोव आसतात. तिचें तोंड ांबट आनी त्रिकोणी आसून माथ्यार दोन ल्हान शिंगां ासतात. तिच्या मानेच्या फाटले वटेन (भुजांचे सुवातेर) शिंड (मांसाचो गुळो) आसून, गळ्यापोंदा पातळ पड्डो ोळी) आसता. गायचे दोळे उदकाळ आसतात. तिची पडी लांब आनी फाटल्या दोन पांयांमदीं तिची होंट दुदाची पिशवी) आसून तिका चार स्तन आसतात. गाय व-धा म्हयने मेरेन दूद दिता. तिचें दूद पौश्टीक अन्न ाशिल्ल्यान तें एक उत्तम अन्न अशें मानतात.

गायो-बैल हांचे वशिंडधारी (मांसाचो गुळो ाशिल्ली) आनी वशिंड विरयत (मांसाचो गुळो ाशिल्ली) अशे दोन मुखेल प्रकार आसात. वशिंडधारी ाय भारतीय उपखंडांत निर्माण जाली आनी थंयच्यान र्विल्ल्या काळांत खुश्कीच्या मार्गान आफ्रिका खंडा मेरेन तिचो प्रसार जालो. वशिंड विरयत गायांचो प्रसार मुखेल करून समशीतोश्ण कटिबंधांत जालो.

गाय हें रवंथ करपी जनावर आसून रेल्युलोज अन्नघटक आशिल्ली खावड तिका खूब मानवता. तण ही गायेची मुखेल खावड. तण पचोवपा खातीर गायेच्या पोटाची घडण खाशेले तरेची आसता. गायेच्या पोटाचे चार भाग आसतात :

1) कोठी पोट (रूमेन)

2) जाळी पोट (रेटीकुलम)

3) पडदे पोट (ओमेजम)

4) खरें पोट (आबोमेजम)

कोठी पोटांत दोन भाग आसतात. कोठी पोट गिळिल्लें अन्न सांठोवन तें ओलें दवरता. तशेंच बारीक जंतूपसून क्रिया करून ताची आंबवण करता आनी कांय हालचाली करून अन्न बारीक करून घोळयता. फुडें तें अन्न पोटाच्या तिसऱ्या भागावरवीं चवथ्या भागांत धाडटा. थंयच्यान गाय हें अन्न परत तोंडांत हाडून ताचो रवंथ करता.

संवसारांतल्या चडशा वाठारांनी कुडिच्या गुणधर्माप्रमाण गायींच्यो जायत्यो अभिजाती तयार जाल्यात. ह्यां अभिजातिंचें वर्गीकरण तांची उत्पादनक्षमता, भुगोलीक सुवात, आनुवंशिक नातें, कुडिची घडण, रंग, प्रचलीत गूण हांचे प्रमाण करतात.

**भारतांतल्यो गायो** : जर्सी, होल्स्टेन -फ्रिझीयन, रेड डेन, ब्राऊन स्वीस अशो भायल्यो जाती आनी हांचे पसून संकरीत केल्ल्यो गायो आनी थळाव्या जातीच्यो गायो आसतात.

भारतीय गायांच्यो जाती (बॉस इंडीकस) : कांकरेज, केनवारीया, माळवी, खेरीगढ, बचौर, थारपारकर, गवळाऊ, भंगारी, हरियाना, कृष्ण व्हेली, मेवाटी, नागोरी, आंगोल, राठी, डांगी, गीर, देवणी, सिंधी, नेमाडी, अमृत महाल, साहिवाल, कंत्रायाम, हल्लीकर, लोहाणी, खिलारी, सिरी, धानी, पोनवार.



गोरवां मळार चरतांना

फ्लेमीश, फ्रिझीयन, फ्रांस नॉर्मंडी, फ्रेंच फ्रिझीयन, ईस्ट रेड अँड व्हाइट, चारोले लिमोसिन, सेलर्स, आर्मोरिक मेने अन्जाऊ, ब्रिटनी ब्लॅक अं व्हाइट, गेस्कोनी, फ्लेमी पार्थनि, बाऊन स्विस.

**प्रजनन :** गायचें प्रजनन शास्त्रीय पद्तींनी करतात.

1) आंतर प्रजनन : ही पद्द नातें आशिल्ल्या जनावरांम आपणायतात. हातूंत अवगु चड उरतात.

2) बाह्य प्रजनन : वंश एव कुटूंब वेगळें अशा जनावरांमदीं

3) मिश्र प्रजनन (संकर) : दोन वेगळ्या वंशामदीं भायली जात आनी भारतीय जात.

4) सुधार पद्त : सुधारीत - शुद्ध हांचे मदीं.

गाय थारायल्ल्या दिसा आनी वेळार फळटा. ताव भार म्हणटात. दोन भारांमदलो काळ 19 ते 21 दी आसता. भार 1 ते 2 दीस उरता. ह्याच दिसांनी गा फळटा आनी गाभणी जाता. गाभण- काळ सरासरी 27 ते 291 दिसांचो आसता. वियेतकच परत 60 दिस उपरांत गाय फळूंक शकता.

**उपेग :** गाय ही मोनजात दुदा खातीर, मांसा खाती आनी शेती वेवसाया खातीर पोसतात. गायचें दूद खू रूचीक आनी पुश्टीक आसता. तातूंत प्रथिनां, चरबी कार्बोहायड्रेटस, कॅल्शियम, अ, ब, क जीवनसत्वां अन हेर पोशण तत्वां आसतात. मनीस-भुरगें जल्माव आयल्या उपरांत पयलीं आवयचें आनी कांय म्हयन्यांन ताका गायचें दूद दितात. आवयच्या दुदा फाटोफाट गायचें दूद भुरग्याक दितात. गायच्या दुदापसून दूद फेणे, मिल्व

भायल्या देशांतल्यो गायो (बोर टोरस) : डेन्मार्क : रेड डॅनिश, डॅनिश काळी, धवी, शॉर्ट हॉर्न, डॅनिश जर्सी, मिश्र, फिनलंड : फिनकॅटल, फिनीश आयर शायर, मिश्र वंश, नॉर्वे: नार्वेजियन रेड, साऊथ अँड वेस्ट लँड, कलर साइडेड ट्रॉंडर अँड नॉर्थलँड, टेलेमार्क, डोल, मात्सेव्ह, नॉर्वेजियन जर्सी, स्वीडन : स्वीडीश तांबडी आनी धवी, स्वीडीश फ्रिजीयन, स्वीडीश पोल्ड, स्वीडीश जर्सी. ब्रिटन आनी आयलँड : ॲबरडीन ॲंगस, आयर शायर, ब्लू अलबियॉन, नॉर्थ डेव्हन, डेक्स्टर, ब्रिटीश फ्रिजीयन, गेलोवे, बॅल्टेड गेलोवे, ओल्ड ग्लॉस्टशर, ग्वेर्नसी, हरफोर्ड, हाडलँड, जर्सी, केरी, लिंकन, लाँग हॉर्न, रेड पोल, शॉर्ट हॉर्न, साउथ डेव्हन, ससेक्स, वेल्श ब्लॅक, व्हाइट पार्क, नेदरलँडस : डच फ्रिझीयन, ग्रोनीन्झेन व्हाइट हेडेड, म्यूझ - वाइन - इस्सेल, जर्मनी : ब्लॅक आनी व्हाइट लोलँड, रेड आनी व्हाइट लोलँड, अँगेलन, शॉर्ट हॉर्न, जर्सी, जर्मन येलो, जर्मन रेड, रेड डॅनिश, जर्मन सिमेंटाल, जर्मन ब्राऊन, पोलंड : पोलीश रेड, बेल्जियम : सेंट्रल अपलँड, रेड अँड व्हाइट कॅपाइन, रेड अँड व्हाइट ईस्ट फलेमिश, ब्लॅक अँड व्हाइट हर्व, रेड वेस्ट

ाद (पेय), लोणी, तूप, बटर, चीज, आयस्क्रीम आदीं स्किल्ले पदार्थ तयार करतात.

**सांस्कृतीक संदर्भ :** ईजिप्तांत एपिस देवाची पुजा च्या रूपांत करताले. भारतांत सगळ्या धर्मांत गायेक गळेंच म्हत्व आसा. मोहेंजो हांगाच्या उत्खननांत (इ. प. सुमार 2750 - 2250) सांपडिल्ल्या राजमुद्रांचेर नी मातयेच्या शिल्पांचेर गायेचीं चित्रां आसात.

दत्तात्रेय देवा भोंवतणी जो जनावरांचो समुदाय सता, तांचे मदीं गाय मुखेलपणान आसता. गायेच्या गांत तेत्तीस कोटी देवांची वसती आसता असो हिंदु र्मांत विस्वास दवरला. ते खातीर गायेक नमस्कार केलो तो देवांक पावता अशें भावीक मानतात. हेच भावनेन, गल कार्या वेळार गायेक जेवणाचें पान लावपाची पद्दत ासा.

गायेक कामधेनू म्हणटात. ती इत्सापुर्ती करता हाचे यल्यान तिका हें नांव पडलां. कोंकणांत गोरवां डव्याच्या सणांत, गोरवांक न्हाणयतात. फुलांनी जयतात. तांकां गोडशें खावयतात आनी ताणी मनशांक ल्ले सेवेचे (इत्सापुर्तीचे) उपकार म्हणून ह्या दिसा तांचे नी तांची पुजा करतात.

वेदांत, खास करून ऋग्वेदांत, गायेचो महिमा वर्णन रपी जायते मंत्र आसात. श्रीकृष्णाच्या गोवर्धनोद्वार थेंतूय गायेचो महिमा आयला. कृष्णाचें 'गोपाळ' हें एक वित्र नांव म्हूण हिंदू मानतात. संस्कृतांत 'गो' ह्या ब्दाचो अर्थ गाय वा बैल असो जाता. गोकुळांत कृष्ण रवांची राखण करतालो. हाचे वयल्यान ताका हें नांव डलां. गाय हिंदू लोकांमदीं एकदम पवित्र आसून ायत्या धर्मकृत्यांत तिचो आनी तिच्या गोरसाचो ासपाव करप हें हिंदू धर्माचें एक खाशेलेंपण आसा. दिकांचे यज्ञसंस्थेंत गायेक खाशेले म्हत्व आशिल्लें. धुपर्क पुजे वेळार गोवध करपाची पद्दत आशिल्ली, अशें ह्यसूत्रा वयल्यान दिसून येता. फुडें पुराणकाळांत हाचे रफाटी प्रतिक्रिया जावन गाय मारची न्हय, तिचें मांस ावचें न्हय, अशा विचारांनी मूळ धरलें. गाय आनी गायचें 'पंचगव्य' (गायचे शेण, मूत, दूद, धंय आनी तूप) हे पांच पदार्थ एकठांय भरसून केल्लें मिश्रण पवित्र मानतात. 'पंचगव्यप्राशन' हो हिंदूचो एक म्हत्वाचो धार्मीक विधी आसा. गोमूत्र म्हणजेच गायेचें मूत, पंचगव्यांतलें एक घटक जावन आसा. भूमिशुद्धीकरण करपाक गायेचें मूत शिंपडायतात. सुतकांतल्यान सुटकतच चड करून बाराव्या दिसा, कांय कडेन अकराव्या दिसा गायचें मूत हाडून घर शुद्ध (अनवाळें) करतात. आयुर्वेदांतूय गायेच्या मुताक खूब म्हत्व आसा. तें कटू, तिक्त, उश्ण, लघू, पित्तकर, दीपन, पवित्र आनी बुद्धिप्रद मानलां.

गोमूत्रकृच्छ म्हणजेच एक प्रायश्चित. हाचो विधी प्रायश्चित्तसार ह्या ग्रंथांत सांगला तो असो :

**आतृत्तेश्चारयित्वा गां गोधूमान यवमिश्रितान।**
**तान गोमयोत्थान सङ्.गृह्य पिबेद गोमूत्रयावकम॥**

**अर्थ :** गायेक पोटभर गंव खावपाक घालात आनी तें तिच्या शेणांबरोबर भायर पडटकच एकठांय करात आनी गायेच्या मुतांत घोळोवन पियात.

गोमय म्हणजेच गायेचें शेण. पंचगव्यांतलो हो आनीक एक घटक जावन आसा. हिंदू धर्मांत गायेच्या शेणाक पवित्र मानलां. भूमिशुद्धीकरण करपाक गायचें शेण जमनीक सारयतात. जेवल्या उपरांत बशिल्ल्या सुवाती वयलें उश्टें काडपाक शेणाच्यो लोळी सारयतात. घराची पडवी आनी आंगण शेणान सारावन, ताचेर धवीफुल्ल रांगोळी घालपाची पद्दत आदल्या काळांत कोंकणांत सर्रास आसली. गायेचें शेण उदकांत घोळोवन पिल्यार देहशुद्ध (आंग शुद्ध) जाता, असो लोकांचो समज आसा. गायेचें शेण सुकोवन ताच्यो शेण्यो (शेणी) रांदनीत जळव म्हूण आनी होम घालतना होमखंडांत उपेग करतात. गायेचें शेण शेता खातीर सारें म्हणून वापरात. गोरवांच्या शेणाचेर प्रक्रिया करून गोबर गॅसावरवीं इंधन आनी वीज निर्मिती करतात.

**गोमुख : 1**

गोमुख म्हणजेच गायेचें तोंड. 1) देवळांत देवाचो अभिशेक दुदांन, उदकांन केल्या उपरांत तें भायर सोडपा खातीर जो पनेळ करतात ताचें भायलें तोंक गायेच्या तोंडाच्या आकाराचें आसता. ह्या बांदकामाक 'गोमुख' वा 'गायेचें तोंड' अशें म्हणटात. हें चड करून कोंकणांत चडशा देवळांनी पळोवंक मेळटा. ह्या गोमुखांतल्यान अभिशेक केल्या उपरांत जें उदक भायर सरता तें तीर्थ म्हणून भावीक पितात.

**2) गोमूख : 2**

एक सुशिर वाद्य. हाका गायेच्या तोंडाचो आकार दिल्लो आसता. कौटिल्याचें अर्थशास्त्र आनी महाकाव्य हातूंत ह्या वाद्याचो उल्लेख केल्लो आसा. हें वाद्य युद्धाच्या वेळार वाजयतात. देवाची मिरवणूक आनी आरती वेळार शिंगासारकें जें वाद्य वाजयतात ताकाय 'गोमुख' अशें म्हणटात.

**गोमूख : 3**

जैन देवतशास्त्रांतले एक यक्ष. आदिनाथाचो सेवक. ताचें वर्णन सकयल दिल्ले प्रमाण केलां :

चतुर्भुज : सुवर्णाभो गोमुखो वृषभवाहनः ।

अर्थ : चार हात, सुवर्णकांती, बैलाचें तोंड, वृषभ वाहन आनी वरदमुद्रा धारण करपी असो गोमुख यक्ष. ताचे मस्तकाचेर (कपलार) धर्मचक्र आसता. आधिनाथाच्या शिल्पांत हो चडकरून सापडटा. हाची स्वतंत्र अशी मुर्ती ना.

फाटल्या शंबर वर्सासावन भारतांत गोरक्षणची चळवळ चालूच आसा. कायद्यान पुरायपणान गोवधबंदी करची अशें कांय विचारवंतांचें मत आसा. पूण गोरवां - मांस हें कांय लोकांच्या अन्नाचो एक घटक जाल्ल्यान गोवध बंदीसंबंदी मतभेद आसात.

**गोमूत्र (गोमूत)**

गायेचें मूत. पंचगव्यांतलो एक घटक. भूमिशुद्धीकरण करपाक गायचें मूत शिंपडायतात. सुतकांतल्य सुटतकच चड करून बाराव्या दिसा, कांय क अकराव्याच दिसा, गायेचें मूत हाडून घर शुद्ध (अनवा करतात. अशा प्रसंगार जें तिर्थ पियेवपाक दितात ता गोमुताचे कांय थेंब घालपाची रीत कांय कडेन आसा.

आयुर्वेदांतूय गायेचे मुताक खूब म्हत्व दिलां. तें क तिक्त, उश्ण, लघू, पित्तकर, दीपन, पवित्र आनी बुद्धि मानलां. भारतीय वैजकी शास्त्रांत, कांय पिडांचेर ता वापर सांगला.

**- सं.**

**बैल :** गोरवां समुहांतलो नर प्राणी.

संघ : कणाधारी, गण : सस्तन, वर्ग समखुरी, उपवर्ग : रवंथी, कूळ : गोकूळ, उपकूळ बोस्टिनी, प्रजापती : बॉस, जाती : 1) बॉस टॉरस.

लांबाय, उंचाय, घेर, कुडीची घडण, पांय, शिंग तोंडावळो, मान, खांदो, कान, दोळे, शेंपडी, रंग, वज अशा गुणांचेर बैलाचें वर्णन करतात. ल्हान गांवठी तशें व्हड बैल आसतात. बैल काळ्या, धव्या वा तांबड रंगाचे आसतात.

**सांस्कृतीक संदर्भ :** बलीवर्द ह्या संस्कृत उतरापसु बैल हें उतर जालां आसुंये. बैलाचें दुसरें संस्कृत नां वृषभ अशें आसा. तें वृषभर्षाव करपी ह्या धातूपसु जालां. वृष म्हळ्यार वीर्य असोय एक अर्थ जाता. बैल ह सगळ्यांत वीर्यवान असो प्राणी मानला. वीर्य हें ब आनी पराक्रम हांचें चित्र मानलां. ताचे वयल्यानू ऋग्वेदांत अग्नी, इंद्र आनी देवतांचे बळ उक्तावपा खाती तांकां वृषभ हें नांव दिलां. अथर्ववेदांत बैलाविशीं एक स्वतंत्र सुक्त आसा. तें अशें : बैल हो सहस्त्र शक्तीनं युक्त आसा. न्हंयेचे देगेरे ताचीं तरेकवार रूपा पळोवंक मेळटात. ताचे वरवीं आमचें जायत्या तरांनी पोशण जाता. ताचे भितर बृहस्पती, इंद्र, वरूण आदी देवांची शक्त आसा. तो साक्षात इंद्र. त्वष्ठा आनी वायू हांचें सत्व ताचेमदीं आसा. ताचे कुडींत जायत्या तरांचे देव रावतात.

लाचें दान करप्याक गायो, प्रजा आनी शारिरीक बळ ळटा. बैल गोशाळेंत रावूं दी, ताचे वांगडा गाय रमूदी, लान स्वता पुश्ट जावन आमकांय तशेंय करूं दी.

शेताच्या आनी हेर कामांनी बैल उपेग पडिल्ल्यान नशान ताका मानाची सुवात दिल्ली. बैलाचो इतिहास ,मार 6500 वर्सां सावन सुरू जालो आसुंये. सुरवेच्या ाळांत मनीस अन्ना खातीर भोंवत रावतालो. तेन्ना तो



बैलां झूज (धिरयो)

आपले वांगडा सुणे, घोडे अशी मोनजात पोसतालो. पूण तेन्ना मनीस एका जाग्यार रावन शेत पिकोवन खावंक नागलो तेन्ना ताचे वांगडा गोरवांय रावंक लागलीं. अशे नरेन बैल मनशांचो इश्ट जालो.

हडप्पा आनी मोहेंजोदडोंत केल्ल्या उत्खननांत बैलाचें चित्र आशिल्ल्यो जायत्यो मुद्रा मेळ्ळ्यात. ह्या मुद्रां वयलीं बैलाचीं शिंगां व्हड आसात. त्या चित्रांत बैलाचो वृषण पुश्ट दाखयला. हाचे वयल्यान सिंधू संस्कृतींतले लोक वृषभपूजक आसुंये अशें अनुमान काडप जाता. वृषभपुजेचो संबंद प्रजनना कडेन आसा.

भारतांत जायत्या आदिवासी जमातींमदीं बैलाचीं शिंगां मुकुटा भाशेन आपल्या माथ्यार बसोवन नाच करपाची चाल आसा. बैलाच्या शिंगानी अतिमानवी शक्त, प्रजननशीलताय, पावित्र्य, यश आनी समृद्धी हे गूण आसतात असो समज आशिल्ल्यान नाचा वेळार माथ्यार हीं शिंगां घालतात.

शैव संप्रदायांत बैल हें शिवाचें वाहन मानलां. शिवाच्या देवळांत सदांच शिवामुखार बैल बशिल्लो आसता आनी ताका नंदी म्हणटात. हे नंदीमुर्तीच्या वृषणाक हात लावन ताच्या दोनय शिंगा मदल्यान शिवदर्शन घेवंचें असो संकेत आसा. वीर शैव संप्रदायांत नंदिचें खुबूच म्हत्व आसून ते लोक ताका बसव म्हणटात. म्हैसुरालागसार बसवगुडी नांवाचें बैलाचें एक देवूळ आसा. रूद्राक तैत्तिरीय संहितेंत गोमृग म्हळां. त्या विशशेणा वयल्यान फुडें बैल हें शिवाचें वाहन कल्पिलां आसुंये. शिवाक प्रजापती कडल्यान वृषभ हें वाहन मेळ्ळें असो महाभारतांत उल्लेख आसा. हिंदु समाजांत गोरवांचें मांस खायनात.

ज्योतीशशास्त्रांत राशिचक्रांत दुसरी सुवात वृषभ राशीक आसा. इजिप्तांत एपिस देवाची पुजा वृषभ रूपांतूच करताले. पुर्विल्ल्या इराणांतले जायते शिल्पाकृतींत मिथ्र (सुर्यदेव) बैलाचीं शिंगा धरून ताका हारायता आनी ताचेर ज्या जाग्यार सुरी मारता थंय रगत येनासतना धान्याचीं कणसां भायर पडटात अशें दाखयलां. हातूंत बैल हो समृद्धीचें प्रतीक आसा असो हेतू आसुंये.

**बैलांच्यो भारतीय जाती :** सिंधी, गीर,

शाहिवाल,अमृत महाल, डांगी, देवनी, हरीयाना, ओंगोल, थारपारकर, कांगायाम, हल्लीकार कांक्रेज.

बैलाच्यो संकरीत जाती : सिंधी x जर्सा, सिंधी x हॉल्स्टेन, गीर x जर्सी, गीर x हॉल्स्टेन, गांवठी x भारता भायली. कोंकणांतय संकरीत तशेंच गांवठी बैल आसात.

**पिडा :** हेर मोनजातीक जातात तेप्रमाण बैलाकूय जायत्या तरांच्यो पिडा जातात. कांय पिडा वाशिनांनी वखदांनी बऱ्यो जातात. जाल्यार कांय रोगांचेर उपाय नात. बैलांक लाग, माता, घटसर्प, फऱ्या, मूतखडो, पोट फुगप अशो जायत्यो पिडा जातात.

**पोसप :** बैल गोठ्यांत रावता. वत, वारो, पावस, शीं हांचे पसून राखण जाता असलो गोठो ताका लागता. जागो उण्या चड आकाराप्रमाण लागता. प्रजनन करपी बैलांक खास पोसपाची पद्दत आसा. तशेंच तांका व्यायाम करपाक सुरवातेची गरज लागता. बैलाक धान्य, पेंड, भुसो, वाण, जितें सुकें तण, क्षार विटामिनां लागतात. तशेंच ताका नितळ उदक भरपूर प्रमाणांत मेळपाक जाय. ल्हान शेतकामत्याक परवडपी आनी खूब काम करपी देखून बैलाक मनशाचे जिणेंत म्हत्वाची सुवात आसा.

**उपेग :** खास प्रजनन करपी बैल खूब म्हारग आसता. तांकां सैमीक संभोगाक वापरतात. तेच प्रमाण तांचें वीर्य वापरून कृत्रीम गर्भधारणा करतात. शेतिच्या कामांत सामान व्हरपाक, गाडे ओडपाक, शेतांत नांगर ओडपाक बैलाचो उपेग करतात. बैलाचें मांस खावपाक, हाडा वस्तू करपाक आनी कात जोतीं, पिशव्यो करपाक वापरतात.

कोंकणांत कांय कडेन बैलां-गाडयांच्यो सर्ती आयोजीत करता. ह्यो सर्ती थारावीक उत्सवा वेळार जातात. गोंयांत बैलांच्यो झुजी जाताल्यो. तांकां धिरयो म्हणटात. हातूंत दोन मालकांच्यो दोन बैलां मदीं धिरयो लागताल्यो आनी जो बैल जिखतालो ताका म्हणजे ताच्या मालकाक इनाम मेळटालें. कांय कडेन हें इनाम पयशाच्या रूपानय दिताले. कांय धिरयो ह्यो प्रेक्षकांक तिकेटी लावन करताले. अशा धिरयांनी व्हड प्रमाणांत पयशांचो वेव्हार जातालो. धिरयांक लागून मोनजातीचेर अत्याचार जातात, तशेंच धिरयांच्या बैलां कडसू लोकांक अपाय जावपाची शक्यताय आसता. हाक लागून धिरयांचेर सरकारान बंदी घाल्या.

**रेडो :** रेडो हो 'बोव्हायन' (Bovine) वर्गांतलो प्राणी हो नर आसून 'म्हस' (She-buffalo) ही मादी ही जात रंगान काळी आसून तांची चामडी दाट आसता तांच्या आंगार खूब उण्या प्रमाणांत ल्हंव आसता रेड्याची तकली म्हशीचे तकलेपरस मोटी आसून शिंग जाड आनी मोटीं आसतात. सादारणपणान रेड्याचं लांबाय 2 मीटर आनी उंचाय 4 ते 4.5 फूट आसतात रेड्याचें वजन उण्यांत उणे 250 - 300 किलो आनं चडांत चड 600 -700 किलो मेरेन आसता. तांचं पिराय 15 ते 16 वर्सां मेरेन आसता. भारतांत रेड्यांचे प्रमाण चड आसा. तातूंत सुरती, मुऱ्हा, जफराबादी पंढरपुरी अशो वेगवेगळ्यो जाती आसात. गोंयांत कोंकणांत चडशा भागांनी सुरती आनी थळाव्या जातींचं जनावरां पळोवंक मेळटात.

**सांस्कृतीक संदर्भ :** रेड्याक यमाचें वाहन अशें मानतात. यमा वांगडा रेड्याचीय मूर्त कोरांततात. तेच प्रमाण दुर्गेच्या पांयां सकयल रेड्याची आकृती आसता. देवीन केल्ल्या महिषासुराच्या वधाचें हें प्रतीक अशें समजतात.

आश्विनांतल्या नवरात्रांनी देवीमुखार रेड्याचो बळी दिवपाची चाल आशिल्ली. तेच भाशेन दक्षिणेंत आनी कोंकणांत कांय ग्रामदेवतांकूय रेड्याचो बळी दिताले. द्राविडी पुजेंत महिषबळीक चड म्हत्व आसा. सद्याक अशी बळिची प्रथा उणी वा नश्ट जाल्या.

रेड्यांच्यो धिरयो लावप हें पुर्विल्लें मनोरंजनाचें एक साधन आशिल्लें. राजा लोक हे खातीर खाशेले रेडे सांबाळून तयार करताले. पंजाब, काठीयावाड ह्या प्रदेशांतल्या रेड्यांची धिरयां खातीर खूब नामना आशिल्ली.

दक्षिण कर्नाटकांत रेड्यांच्या जोडयां मदीं धांवपाच्यो

र्ग आयोजीत करतात. तांकां कंबळा (Buffalo cing) म्हणटात. हे सर्तीत एका वांगडा केन्ना केन्ना भरा वयर रेड्यां जोडयो वांटो घेतात. रत्नागिरी ल्ल्यांत दिवाळे कडेन, करमणूक म्हणून रेड्यांच्यो रयो लायतात. हाचेर आतां बंदी आयल्या.

कांय आदिवासी समाजांनी रेड्यांक खूब म्हत्व सता. गोंड लोकां भितर मनीस मरतकच ते परधानांक ो बळी दितात. रेडो हे परधान जातीचें कुलचिन्न. कांय तींनी गांवांत रोग आयल्यार रेड्याची पुजा करतात. ो हें यमाचें वाहन असो समज हे पुजे फाटल्यान आसा.

सादारणपणान चार वर्सांचे पिरायेचेर रेडो पिरायेंत ता. ज्या रेड्यांचो उपेग शेतांत वा गाडये खातीर करपाचो ासता, त्या रेड्यांचें निर्बिजीकरण करतात. ताका लागून सभावान रागीट जायनात. तांचो कामा खातीर खूब पर करूंक मेळटा. ह्या जनावरांची ल्हान पिराये सावन गवेगळ्या दुयेंसांपसून राखण करची पडटा. ल्हान ासतना तांकां दंतांची पिडा आसता. तेच भाशेन गवेगळ्या रोगांचेर तांकां वासिनां दिवचीं पडटात.

दुदाळ म्हशींची पैदास करपाक बरे नसलीचे रेडे पोसून ांचो बियाक वापर करतात. हे रेडे सभावान खूब रागीट ासतात. बरे जातीच्या रेड्यांक खूब खावड जाय पडटा. रयां खातीर रेडे तयार करपाक खूब कश्ट घेवचे डटात. अशें हे रेडे बळिश्ट आनी पिंडान मोटे आसतात.

**उपेग :** रेड्याचो उपेग शेता खातीर, बिया खातीर प्रजोत्पादन) मांसा खातीर आनी धिरयांक करतात. ारतांतल्यान रेड्याच्या मांसाची निर्यात व्हड प्रमाणांत ाता. रेड्यांच्या चामडे पसून पिशव्यां सारक्यो वस्तू यार करतात. शिंगापसून सोबायेच्यो वस्तू तशेंच ाडांपसून 'बोनमील' हें सारें तयार करतात. एका ड्यापसून दिसाक सरासरी 15-20 कील शेण मेळटा. ह्या शेणाचो वापर सारें म्हणून झाडांक, शेताक जाता. तशेंच शेणाचो वापर गोबरगॅसाकूय करतात.

**म्हस :** म्हस ही 'बोव्हायन' (Bovine) वर्गांतली मोनजात. 'म्हस' ही (She-buffalo) मादी. हिची आंगाची रचणूक आनी रेड्यासारकोच आसता. गाये सारकी म्हसूय दूद दिता.

**कोंकणी म्हणी :**

**शेणिल्लें गोरू करमळेच्या तळ्यांत.**

शेणिल्लें गोरू कोणाच्या शेतांत पावलें आनी ताणें शेत खालें तर तो शेतकार गोरवाक व्हरून व्हडलें गोंया लागीं आशिल्ल्या करमळी गांवच्या तळ्यांत व्हरून सोडटालो. हाच्या फाटल्यान दोन-तीन उद्देश आसताले. एक म्हणजे गोरवा धनी गोरू सोदीत सोदीत अखेरेक करमळेच्या तळ्या कडेन पावतालो. ताचें गोरू ताका मेळटालें. तेच वांगडा जाचें शेत खालां ताका ताचीं गोरवाकारा कडल्यान भरपाय वसूल करूंक मेळटाली. करमळेच्या तळ्यांत सोडिल्ल्या गोरवाची खावपा-पिवपाची सोय करमळेच्या तळ्यांत जाल्ल्यान ते उपाशीं पड नासलें. करमळेच्या तळ्यांचो वाठार व्हड आशिल्ल्यान थंय सोडिल्लें गोरू थंयच्या थंय उरून ताका राखपाची वेगळी वेवस्था करची पडनासली.

जेन्ना कोणय मनीस सांगिनासतांना घरांतल्यान भायर सरकून तेन्ना तो ताचे थारायल्ले थारावीक सुवातीचेर वचून रावता. ताचो सोद घेतल्या मनशामुखार ही म्हण म्हणटात.

**2) भटाक तारवां आनी तारयाक गोरवां कोणेन सांगल्यांत?**

भटाक तारवां चलोवंक येनात. ताका गोरवां पोसपाक येता. हाचे उरफाटें तारयाक तारवां चलोवंक येता. ताका गोरवां पोसूंक येना. जेन्ना कोणय आपणालें न्हय तें काम करता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

**3) दुसऱ्यान गाय मारली म्हण आपणेन वासरूं मारचें न्हय.**

दुसऱ्याक बुद्द शिकोवंक वा दुसऱ्याच्या रागान आपणेन पातक करप सारकें न्हय असो हाचो अर्थ जाता.

गाय आनी वासरूं मारप दोनय वायट गजाली. तातूंत

व्हड (गाय) वा ल्हान (वासरूं) अशें धरी नासतांना, दोनय करपाचें नासता अशी बुद्द दितांना ही म्हण म्हणटात.

**4) मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद.**

जिवी आसतांना म्हस बारा शेरांपरस बरेंच उणे दूद दिता. पूण ती मेल्या उपरांत ती खूब (बारा शेर) दूद दिताली अशें तिचें व्हडपण सांगप जाता.

जेन्ना कोणाचीय वस्त शेणटा, पिड्ड्यार जाता वा चोरून व्हरता, तेन्ना तो ते वस्तीचें मोल वाडोवन सांगता. तेन्ना ताका उद्देशून ही म्हण म्हणटात.

**5) रेड्या-पाड्याच्या झुजांत झाडां-पेडांचेर काळ.**

जेन्ना रेडे-पाडे झगडटात तेन्ना तांच्या झुजाच्या धुमशेणांत आशीकुशिंच्या झाडां पेडांचेर हावळ (मोड-तोड) येता. जेन्ना दोन बळिश्ट मनशां मदीं वा राष्ट्रांमदीं झगडें लागता तेन्ना त्या झगड्या कडेन देणे-घेणे नासतांना आशी-कुशिच्या लोकांक, ताचे वायट परिणाम भोगचे पडटात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

**6) गोरवाक दावें आनी मनशाक उतर :**

गोरूं ही मोनजात जाल्ल्यान ताचेर नियंत्रण हाडपाक दाव्याचो वापर करचो पडटा. मनीस समंजस आशिल्ल्यान ताका उतराची भास पुरो जाता. जेन्ना मनीस मोनजाती सारखो वागता तेन्ना ही म्हण वापरता.

- सं

**पुरक नोंदी : 1) कंबळा 2) धिरयो 3) दूद 4) बैल गाडी**

**गोरवां पाडवो :** गोरवां पुजा करता तो कार्तीक शुद्ध पाडवो. जांचे कडेन गोरवां आसात ते लोक हो पाडवो व्हड उमेदीन मनयतात. वर्सभर गोरवांनी दिल्ले सेवेची परत फेड कशी ही पुजा मनयतात.

ह्या दिसा गोरवांचो गोठो नितळ करून गोरवांकूय तेल लावन हून उदकान न्हाणयता. कपड्यान तांचे आंग पुसून तांच्या गळ्यांत फुलां, मणी, घुंगऱ्यांच्यो माळो घालतात. तांच्या आंगार रंगयाळे तिबे काडटात. तांकां गोडधो[...] खावंक दितात. तांची पुजा करतात, आरत दाखयता[...] प्रदक्षिणा घालून तांचे मुखार प्रार्थना करतात ती अशी :

**अग्रतः सन्तु में गावो, गावो मे सन्तु पृष्ठतः।**
**गावो मे हृदये सन्तु गवांमध्ये वसाम्यहम॥**

**अर्थ :** गायो म्हज्या फाटल्या-फुडल्यान आसूं[...] म्हज्या अंतस्करणांत सदांच आसुंदी. हांव गायेचे म[...] रावतां.

ह्या दिसा गायेचें दूद काडिनात आनी बैलांक कामा[...] लायनात.

घरामुखार प्रतिमात्मक असो गोठो तयार करतात. थं[...] गोठ्याची प्रतिकृती करून तातूंत गोरवां, राखणे हां[...] मातये-बावलीं वा कारिटांक चुट्टेचे व्हीर तोंपून केल्[...] गोरवां, राखण्यांच्यो आकृती, उब्यो करतात. कांय कडे[...] गायरींतलें शेण घेवन ह्या गोठ्यांत गोवर्धन पर्वता[...] प्रतिकृती निर्माण करतात. कृष्ण आनी बळीराजाचें चि[...] दवरपाचीय कांय कडेन रीत आसा. गोठ्या सरभोंवत[...] सैमीक अशी सजावट करून कारिटांच्या अर्दुकांत तेल वात घालून पणट्यो म्हणून पेटयतात. उपरांत प्रतिकात्म[...] गोठ्यांत उबारिल्ल्या गोवर्धन पर्वताची, कृष्ण आनी ब[...] राजाची पुजा करतात आनी प्रार्थना म्हणटात ती अशी :

**गोपाळमूर्तेविश्वेश शक्तोत्सवभेदक।**
**गोवर्धन कृतछत्र पूजां मे हर गोपते॥**

**अर्थ :** इंद्राच्या नांवान करपाचो यज्ञ मोडून गोवर्[...] पर्वताक आपलें छत्र करपी हे कृष्णा, म्हजी पुजा [...] स्विकार कर.

दुसरे दिसा, गोवर्धन पर्वता खातीर वापरिल्ल्[...] शेणाच्यो पांच शेणी थापून त्यो गोठ्याचे वा घराचे वण्टी[...] मारतात आनी त्यो सुकतकीर माघ शुद्ध सप्तमीक (र[...] सप्तमीक) तांचो उजो करून ताचेर गोडशें शिजयता[...] आनी तें सुर्य आनी हेर देवांक निवेद्य कसो दाखयतात.

गोरवां पाडव्या दिसा सांजेच्या वेळार सजयल्[...] लांकडी घुमटेंत कृष्णाची मुर्ती बसोवन आनी ती घुम[...] माथ्यार दवरून नाचयत नाचयत गांवभर गांवचे लो[...]

वणूक काडटात. हे मिरवणुकेक धेंडलो नाचोवप गटात. गांवांतले लोक धेंडल्याक खाणा-जेवणाचे न्नस अर्पण करतात. उपरांत ह्या जिन्नसाचें अन्न जोवन प्रसाद म्हणून गांवभर वांट्टात. धेंडलो नाचयतांना गणात तें पद अशें :

**धे-धेंडलो रे धेंडल्या पावस शेणलो**
**धेंडल्याची म्हातारी, शेळें हून खातालीं**

**-डॉ. अनंत राम भट**

दक्षिण भारतांत आनी विशेश करून तमीळ नाडूंत, या वर्साक येवकार दिवपाची पोंगळ ही परब मनयतात. परबेच्या तिसऱ्या दिसा मुट्टू पोंगळ हो गायींची पुजा पाचो विधी आसता. सकाळीं गायी - बैलांक केशर ल्ल्या उदकांत न्हाणोवन तांच्या गळ्यांत फुलांच्यो ळो आनी शिंगांक रंगयाळे गोंडे बांदतात. कांय कडेन ळ्याच्यो माळोय गळ्यांत घालतात. ह्या दिसा गोरवांक डशाचें जेवण दितात आनी सांजेची देवांचे मिरवणुकी गडा गोरवांची मिरवणूक काडटात आनी उपरांत देव ता वांगडा गायींचीय पुजा करतात.

महाराष्ट्रांत शेतकार समाजांत भाद्रपद म्हयन्याचे ासेक पोळा ही परब मनयतात. हे परबे दिसा शेतकार रवांक न्हाणोवन तांकां आरत दाखयतात. तांकां गोड ड जेवण खावयतात आनी तांकां रंगोवन सजोवन जय-गाजयत तांची मिरवणूक काडटात. वर्सभर रवांनी दिल्ले मेवेचे उपकार मानप हो हे परबे फाटलो ा आसा.

**- सं.**

**पुरक नोंद : 1) धेंडलो**

**गोरे, नारायण गणेश :** (जल्म :15 जून 1907, हिंदळे, रत्नागिरी, मरण : -?)

कोंकणांतलो एक राष्ट्रभक्त, लेखक आनी विचारवंत. णें पुणें हांगां बी.ए. एल.एल.बी. केल्ली. ताणें निबंध, लघुकथा, भाशांतर अशा वेगवेगळ्या साहित्य प्रकाराची आंगां हातळल्यांत. 1956 वर्सा जयप्रकाश नारायण हाचें 'व्हाय सोशॅलिझम' ह्या ग्रंथाचो अनुवाद करून ताणें आपल्या लेखनाची सुरवात केली. उपरांत नेहरूच्या आत्मचरित्राचो अनुवाद केलो. ताची भाशा खुसखुसीत आसून लेखन चिंतनशील आसा. 1955 वर्सा 'कारागृहाच्या भिंती', 1956 वर्सा 'करवंदे', 1956 वर्सा 'सीतेचे पोहे', शंख आणि शिंपले', 'दाली', 1959 वर्सा 'ऐरणीवरील प्रश्न', 'आव्हान आणि आवाहन', 'अमेरिकेच्या संघराज्याचा इतिहास', 'बेडूकवाडी' अशीं ताचीं वेगवेगळ्या प्रकारांचीं पुस्तकां आसात. तो समाजवादी पक्षाचो एक खांपो फुडारी. उपरांत 1957-62 वर्सा तो ह्या पक्षाचो सरचिटणीस आनी 1964 वर्सा अध्यक्ष जालो.

1977-1979 ह्या काळा मजगती तो भारताचो इंग्लंडांत उच्चायुक्त आशिल्लो. ताणें राजकारणांत सक्रीय वांटो घेतिल्लो आनी खुबशा वेळार ताणें बंदखणूय भोगिल्ली. गोंय मुक्तीच्या आंदोलनांत तो सक्रीय आसलो आनी तेखातीर ताका बंदखणींतय घाल्लो.

जनवाणी, रचना, जनता ह्या सारक्या नियतकालिकांचें ताणें संपादन केल्लें. तशेंच तो एक उत्कृश्ट वक्तो म्हूण ताची नामना आशिल्ली.

**- सं. मं.**

**गोवम : पळयात → गार**

**गोवा कला अकादमी :** कला, संस्कृताय आनी साहित्याची पोसवण, सादरीकरण, शिक्षण आनी संशोधन करपा खातीर थापणूक केल्ली गोंयची एक नावाजती संस्था. ही कला अकादमी मूर्त स्वरूपांत उबी जावपाक गोंयचो पयलो मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकर हाची कल्पक बुद्द आनी कलेविशिंची आस्था कारणीभूत जाली. ही संस्था पणजेच्या कांपाल वाठारांत मांडवी न्हंयचे देगेर वसल्या.




विविध कलांचेर मोग करपी गोंयकारांक आपली अभिव्यक्ती मुक्तपणान सादर करपाक वाव मेळचो म्हणून गोंय सरकारान हे संस्थेची 28 फेब्रुवारी 1970 दिसा स्थापना केली. विविध कलाक्षेत्रांचो विस्तार आनी कार्य करपा खातीर केंद्र सरकारान राष्ट्रीय पावंड्या वयल्यान संगीत नाटक अकादमी, साहित्य अकादमी आनी ललित कला अकादमी अशा तीन स्वतंत्र अकादमींची स्थापना केल्ली. ह्यो तिनय अकादमी जें कार्य देशाच्या राजधानींतल्यान भारतभर करतात त्या तिनूय अकादमीचें कार्य गोंया खातीर गोवा कला अकादमी कडल्यान घडचें हो हे संस्थे फाटलो उद्देश दवरला. आज कला अकादमी राज्य पावंड्यार कार्य करीत आसा. कला अकादमीच्या वास्तुचो विस्तार जायत आसा आनी तंत्रज्ञानाच्या युगांत गोंयच्या तरणाट्यांक कला प्रशिक्षणा खातीर तांत्रीक आनी भौतीक सुविधा उपलब्ध करून दिवपाचो प्रयत्न कला अकादमीच्या वतीन जायत आसा.

लोककला आनी खास करून गोंयची लोककला हांकां पोसवण दिवपा खातीर कला अकादमी लोककलाकारांचे मेळ घेता. तेभायर आंतरराज्य आनी आंतरराष्ट्रीय थराचेरूय लोककलेचें सादरीकरण करत शास्त्रोक्त पद्धतीन कलेचें शिकप दिवपा भाय कलाकारांक उर्बा आनी उत्तेजन दिवपाच्या हेतान कल अकादमी कलेच्या वेगवेगळ्या मळार सर्ती घेत तातुंतल्यो मुखेल सर्ती अश्यो : लोककला सर्त, भज सर्त (दादले, बायलो, भुरगीं), नाट्य सर्त (शाले महाविद्यालयीन आनी संस्था), किर्तन सर्त, तियात्र सर खेळ तियात्र सर्त, प्रार्थना गितां सर्त, चित्रकल शिल्पकला सर्त.

भारतीय आनी अस्तंत कलांचें शिक्षण आनी संवर्ध करप हो मूळ उद्देश मुखार दवरिल्ल्यान कल अकादमीच्या आलाशिऱ्याखाला हिंदुस्थानी संगी विभाग, अस्तंत संगीत विभाग आनी नाट्य विभा कार्यरत आसा. अस्तंत संगीत विभागांत गायन, पियानो व्हायोलीन, सेलो (Cello), बांसरी, गितार हांचें शिक्ष दिवपाची वेवस्था आसा. हातुंतल्यान शिक्षण घेवपी विद्यार्थी अकादमीच्या गोवा स्टेट सिंफनी ऑर्केस्ट्रां वांटो घेतात. ख्यातनाम ऑर्केस्ट्रा कंडक्टर आनी व्हायोलीन वादक फिरोज मिस्त्री हो ऑर्केस्ट्राचो कंडक्ट म्हूण सद्याक काम पळयता. हिंदुस्थानी संगीत विभागां

त्रीय संगीत, वाद्य (सतार, तबला, हार्मोनियम), नाच रतनाट्यम, कथ्थक) हांचे शिक्षण दिवपाची वेवस्था सा. तेभायर कला अकादमीचीं गोंयच्या ग्रामीण गांत सात उपकेंद्रां आसात. थंय गायन, तबलावादन नी संवादिनीवादन तशेंच एका केंद्राचेर भरतनाट्यम शिकोवपाची सोय केल्या. अकादमी दर वर्सा नेची गोंयकार कलाकार, सुरश्री केसरबाय केरकार, च्या उगडासाक एक संगीत महोत्सव घडोवन हाडटा. महोत्सवांत देशांतले नांवाजते संगीत कलाकार पली कला सादर करतात.

नाट्य विभागाखाला नाट्य कलाकारांक अभिनय, दर्शन, लेखन ह्या घटकां वांगडाच नेपथ्थ, उजवाड - वाज येवजण, भेस-रंगवण, पार्श्वसंगीत अशा नाट्य चेंय शिक्षण दिता. तेभायर कला अकादमीची मेळ' नांवाची स्वताची नाट्यनिर्मिती (रिपर्टरी) सा. ह्या 'रंगमेळा' वरवीं कायमस्वरूपी नाट्य लाकार तंत्रज्ञांच्या वतीन भोवभाशीक प्रायोगीक अशे ट्य प्रयोग करतात.

दर वर्सा अकादमी वतीन कोंकणी आनी मराठींतलो की एक अश्या उत्कृश्ट साहित्यकृती खातीर लेखकाक स्कार भेटयतात. तेचप्रमाण पुराय जिवीत साहित्यसेवेंत रून स्वता साहित्य निर्मिती करतनाच हेरांक णादायक थारिल्ल्या ज्येश्ठ गोमंतकीय साहित्यिकाक दोन वर्सांनी 'गोमंत शारदा' हो एक लाख रुपयांचो स्कार भेटयतात. 'साहित्यिक प्रवास अनुदान' येवजणे तर्गत, दरवर्सा दोन साहित्यिकांक प्रवास अनुदान तात. तशेंच कांय वेंचीक ग्रंथय अकादमी प्रकाशीत रता.

आंतरराष्ट्रीय नामनेचो गोंयकार स्थापत्यशास्त्रज्ञ ार्ल्स कुर्रेय हाणें ह्या कला संकुलाची वास्तुरचना ल्या. ताणें आपल्या कल्पक बुद्दींतल्यान ही सोबीत शी वास्तू 7250 चौ. मि. सुवातेर उबी केली.

**कला दालनां आनी सभाघरां :**

कला अकादमीची कलात्मक आनी भोव उद्देशी इमारत आसा. हे इमारतींत कला अकादमीचें कार्यालय, उक्तें सभाघर, दीनानाथ मंगेशकार बंदिस्त सभाघर, ब्लॅक बॉक्स सभाघर, कला, प्रदर्शन गॅलरी, वाचपघर, ज्युरी (प्रिरिह्यू) रूम आसात. एकूण कला संकूल 7250 चौ. मि. आनी संरभोंवतणचो परिसर मेळून तीस हजार चारशें (30,400 चौ. मि.) इतकी सुवात हांगा आसा. तशेंच भविश्यांत दोन हजार तीनशें (2,300 चौ. मि.) क्षेत्रफळांत कलाकारांक अदीक सोयी सुविधा उपलब्ध जावच्यो ह्या हेतान आनीक विस्तार करपाची येवजण आसा.

अकादमीच्या संकुलांत सुमार 1800 चौ. मि. च्या परिघांत 'दर्यासंगम' नांवाची सुवात आसा. ही सुवात मांडवी न्हंय आनी अरबी दर्या जंय मेळटा ताचे लागींच आसा. हे सुवातिचो अस्थायी स्वरूपाच्या कार्यावळीं खातीर कार्यावळ स्थळ म्हणून वापर जाता.

**- सं.**

**गोवा कोंकणी अकादेमी :** एक कोंकणी संस्था. कोंकणी भाशेची आनी



साहित्याची सगळ्या आंगांनी शास्त्रशुद्ध उदरगत करपा खातीर 1984 त सरकारान ही संस्था स्थापन केल्ली.

अकादेमीची घडणूक करता आसतना तिचो उद्देश गोंय सरकारान फुडल्या उतरांनी सांगलां, "जे अर्थी कोंकणी ही लोकांची भास आनी जे अर्थी ह्या राज्यांतल्या लोकांची सगळ्या आंगांनी उदरगत करपाक तिच्या सगळ्या मळांचेर उदरगत जावप गरजेचें आसा, आनी जे अर्थी गोंय सरकार कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेची जाता तितले बेगीन उदरगत घडोवन हाडून कोंकणी भास आनी साहित्याच्या आदारान पुराय राज्याचो सांस्कृतीक एकवट घट करूंक सोदता, ते अर्थी अशें थारायता की हे उद्देश तडीक व्हरूंक एक अकादेमी स्थापन करची". अशे तरेन अकादेमीची स्थापना करतकच सरकारान चवदा वांगड्यांचें अस्थायी कार्यकारी मंडळ नेमलें. त्याच मंडळाक अकादेमीचे घटनेप्रमाण महामंडळाचे अधिकार मेळ्ळे. 18 फेब्रुवारी 1985 दिसा ह्या मंडळाची पयली बसका जावन तिच्या वावराक सुरवात जाली.

**उद्दिश्टां :** कोंकणी भाशेची उदरगत जावंची, तिचें साहित्य चंवरून फुलचें आनी त्या साहित्यांतल्यान गोंयचे संस्कृतायेचें दर्शन घडचें, विद्येच्या मळावेल्या सगळ्या शास्त्रांचें गिन्यान जाता तितले बेगीन कोंकणींत हाडचें, तत्वज्ञान धरून विज्ञानां मेरेनचें शिक्षण दिवपाची तांक कोंकणीक येवची, संवसारांतल्या व्हड भासांतलें तेचपरी भारतीय भासांतलें अभिजात साहित्य कोंकणींत भाशांतरीत जावंचें आनी त्या साहित्यांतल्यान कोंकणी साहित्याक ऊंच पावंड्याची देख मेळून ताका एक नवी दिका प्राप्त जावंची, शास्त्रीय मळावेल्या वेगवेगळ्या विशयांचेर संशोधन करपाक उमेदीच्या भुरग्यांक प्रवृत्त करचें, तांच्या वावराचें फळ कोंकणींतल्यान आमच्या लोकांमुखार दवरचें, कोंकणीचे उदरगती खातीर लागता त्या दुडवांची पुरवण करची, नवे नवे नदरेन केल्ल्या कोशांची निर्मिती जावची, कोंकणी साहित्याची उदरगत करतना त्या साहित्यान ह्या घटक राज्यांतल्या लोकांचे जिणेक स्पर्श करून तांच्यात एक नवी उर्बा निर्मा[illegible] करची, गोंयच्या निरक्षर लोकांक अक्षरी करपा[illegible] शिक्षणाच्या मळार तिणें वावुरचें, गोंयांक सामाजी[illegible] एकचाराच्या पासान बांदून दवरपाचो इतिहासीक वा[illegible] करचो, तशें करतना गोंयचे संस्कृतायेची गुढी साम्‍णा[illegible] उबारून धरपा खातीर कोंकणीच्या शिरंत्रांनी नवें र[illegible] घोळोवचें अशीं उद्‌दिश्टां आसात.

अकादेमीचें प्रत्यक्ष कार्य 1986 वर्सा सावन सु[illegible] जालें. कार्यकारी मंडळान, कोंकणीचे काम नेटान जाव[illegible] खातीर, अकादेमींत स विभाग स्थापन केले, ते अशे

**1) भाशाशास्त्र :** हातूंत कुडाळ धरून मंगळूर में[illegible] चलतल्या कोंकणीच्या शैलींचो तेच भशेन साबा[illegible] कोंकणीच्या मोडिंचो अभ्यास करपाचो विचार आसा.

**2) कोशशास्त्र :** कोंकणी शब्दसागर, हिंदी कोंकणी कोश, कोंकणी-इंग्लीश कोश, इंग्लीश-कोंक[illegible] (देवनागरी) कोश, इंग्लीश कोंकणी (रोमी) कोश अ[illegible] कोशांचो वावर अकादेमीन हातांत घेतला. कांय को[illegible] पुराय जाल्यात. कांय पुराय जावपाचे वाटेर आसात.

**3) संगीत :** साहित्यांत जश्यो लोकांच्यो भाव[illegible] उक्त्यो जातात, तेचपरी संगीतांत लोकांचे उमाळे उ[illegible] जातात. लोकसंगीत तर लोकांच्या काळजाच्[illegible] उमाळ्यांतल्यान येता. खाशेल्या कोंकणी संगीताचो आ[illegible] लोकसंगीताचो अभ्यास करपाचें अकादमीन थाराय[illegible] आनी ते दिकेन वावर चालू आसा. कोंकणी संगी[illegible] कार्यावळिंची नवनिर्मिती करूंक अकादमी अनुदान दिता

**4) लोकवेद :** कोंकणी लोकवेद भोव गिरेस्त आस[illegible] ताचो आवांठ खूब व्हड आसा. हातूंत म्हणी, काणयो गीतां, मांडे, आल्लयो, जोती, ढवळे, धालो, तळयो होंवयो, फाग, उमाणीं आसपावतात. लोकवेद राख[illegible] खातीर तो पुंजावन ताचें वर्गीकरण करपाचे नदरे[illegible] अकादेमीन पावलां घाल्यांत. लोकवेद संशोधना खाती[illegible] अभ्यासवृत्ती दवरल्या.

**5) साहित्य :** साहित्यिकांची प्रतिभा फुलची, तांक साहित्यांतले प्रवाह समजुचे, संवसारीक साहित्यांतल्य[illegible]

कलाकृतिची तांकां वळख जावंची आनी तांचें
र-मंथन जावन तांकां योग्य दिका मेळची, हे खातीर
देमी वेगवेगळ्या वाठारांत साहित्यीक कृतिसत्रां
वन हाडटा. नव्या लेखकांची उमेद वाडोवपा खातीर
कांचें पयलें पुस्तक उजवाडावपाक अनुदान
ची एक येवजण (पयलो चंवर) अकादेमीन
क लायल्या. हे येवजणेखाला आतां मेरेन जायत्या
कांक अनुदान दिलां. रविंद्र केळेकार हाणें दोन
नी बरयल्लें महाभारत उजवाडावंक अकादेमीन
व दिला. (सप्टेंबर 1987). शणै गोंयबाबाची
ळ समग्र बरपावळ उजवाडापाक महकार्य दिलां. हेर
तल्यान वेंचीक कोंकणी पुस्तकांचें देवनागरींत
पांतर करून तीं छापून घेवपाची एक येवजण कोंकणी
देमीन चालीक लायल्या. प्रतिभा सन्मान (प्रकाशन
अनुदान) आनी साहित्य प्रभा (प्रकाशनोत्तर अनुदान)
दोन येवजण्यां वरवीं साहित्य निर्मितीक उत्तेजन दिता.
यर खाशेल्या पुस्तकांचें अकादमी स्वता प्रकाशन
ा.

6) **शिक्षण आनी संस्कृताय :** अकादेमी माणकुल्या
यां खातीर गोंयच्या वेगवेगळ्या थळांनी बालमेळ
वन हाडटा. ह्या बालमेळांनी वांटो घेवपी भुरग्यांक
यो मांगतात. बडबडगीतां शिकयतात. सुरेश बोरकार
बरयल्लें कोंकणी व्याकरण छापून उजवाडावपाक
देमीन पालव दिला. तज्ञांच्या आदारान अकादेमीन
णी शुद्ध लेखनाचे नेम उजवाडायल्यात. भुरग्यांक
नाची ओड आनी गोडी लागची हे खातीर अकादेमीन
सोद' हें विज्ञानीक तिम्हैन्याळें उजवाडावपाक
क्टोबर 1990 सावन सुरवात केल्या. कोंकणी
ार्थ्यांक (पदवी, पदव्युत्तर आनी संशोधन) शिक्षण
त्यवृत्ती येवजण चालीक लायल्या.

कोंकणी अकादेमीन आपलो असो खाशेलो ग्रंथसंग्रह
नना मोलादीक आनी वेंचीक अशे सुमार 7000 ग्रंथ
नी नियतकालिकां आशिल्लें दाल्गाद ग्रंथालय
यलां.

**हेर उपक्रम :** अकादमी दर वर्सा, कोंकणी नाट्य महोत्सव आनी तियात्र महोत्सव गांवांनी आयोजीत करता. युवा लेखकां खातीर दर वर्सा युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आयोजीत करता.

कोंकणी साहित्याच्या वितरणा खातीर, अकादमी एक पुस्तक विक्री केंद्र चलयता.तेच परी साहित्यीक कार्यावळीच्या सुवातिनी पुस्तक प्रदर्शनां घडोवन तेवरवीं पुस्तकांची वळख तशी विक्री करता.अकादेमीचें फिरतें (मोबायल) विक्री केंद्र आसा.

कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृती आनी कोंकणी सेवेक योगदान दिवपी विद्वानांक दर वर्सा पुरस्कार दिवन अकादमी भोवमानीत करता. हातूंत युवा-सृजन पुरस्कारांचोय आसपाव आसा.

अकादेमीचीं कांय खास प्रकाशनां :

1. कोंकणी शब्दसागर - खंड I, II - सं. पांडुरंग भांगी
2. इंग्लीश -कोंकणी कोश - सं. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
3. कोंकणी मंदाकिनी - डॉ. जुजे पेरेर
4. कोंकणी भाशेचें अध्यापन - प्रा. वसंत लवंदे
5. शणै गोंयबाब खंड I, II, III, IV सं. शांताराम वर्देवालावलीकार
6. कोंकणी भाशा, प्रकृती आनी परंपरा - डॉ. मु. बा. कुलकर्णी
7. क्रिस्तांव घराबो - एडवर्ड ब्रुनो द सौज
8. राजा चंद्रहास - बोळेंतुर कृष्ण प्रभू
9. भारताचें संविधान - अ. प्रकाश थळी
10. कोंकणी उतरावळ - सं. डॉ. काशिनाथ महाले

**- सं.**

**गोवा चित्रा संग्रहालय :** हें पुराण वस्तू संग्रहालय गोंयात सालसेत तालुक्यांत, बाणावले गांवांत 2009त स्थापन जालें.

ह्या संग्रहालयांत आदल्या काळांतले संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी एका हजारावयर वस्तू संग्रहीत केल्यात. आदल्या काळांत गोंयांतले कृषी संस्कृतींत वापरांत



संग्रहालयांतले एक दालन

आशिल्लीं शेती-आयुदा, वांटपा-कांडपाचीं, फोडपा-सोलपाचीं शस्त्रां, रांदचे कुडींतलीं रांदपा-जेवपाची, म्हाल सांठोवपाची आयदनां, बसपा-न्हिदपाचीं आसनां, येरादारिचीं साधनां, पुजेचें, देव-धर्माचें सामान आनी हेर संबंदीत वस्तूंचो आसपाव आसा. दर एके वस्तूची जाणकारां कडल्यान घेतिल्ली योग्य म्हायतीय हांगा दवरल्या. हे म्हायतींत वस्तू तयार करपाक लागपी जिन्नस, ताची कारागिरी, ती वापरपाचो कालखंड, तिचो त्यावेळा वयलो वापर, तिचो सामाजीक, सांस्कृतीक संदर्भ आनी हेर पुरक तपशील आसा.

हें संग्रहालय सैमीक विविधतायेन भरिल्ल्या परिसरांतल्या फार्म हांवसांत उबे केलां. हांगा भितर तशी भायर गोंयच्या आदल्या सैम-सांगाती वातावरण निर्मितीक लागून हें संग्रहालय आनीक अर्थपूर्ण जालां. ह्या संग्रहालयांत कला आनी हस्तकला दालन, उक्तो सभामंडप आनी संग्रहालय अशें विभाग आसात. ह्या संग्रहालया वरवीं गोंयच्या आदले निजाचे जिवीत-संस्कृतीची वळख जाता.

- सं.

**गोंय राज्य वस्तूसंग्रहालय :** गोंय प्रदेशाचें दायज सांगपी पुरातन वस्तूंचो सांबाळ आनी संवर्धन करपी सरकारी संग्रहालय.

**इतिहास :** गोंयात विंगड-विंगड वाठार आशिल्ल्यां पुरातन शिल्पांचो, तशेंच इतिहासीक आ कलात्मक वस्तुंचो एकाच जाग्यार संग्रह, सांबाळ आ जतनाय जावची ह्या उद्देशान 29 सप्टेंबर 1977 ह्या दि पणजेंत एका ल्हानशा सुवातीर गोंय रा वस्तूसंग्रहालयाची स्थापना जाली. तातूंत इतिहा पुरातत्वशास्त्र, मानववंशशास्त्र, भूगर्भशास्त्र आ ख्रिश्चन कला हांची वळख करून दिवपी ल्हान ल्ह दालनां तयार केल्लीं. कांय वर्सां उपरांत गोंय सरका इडीसी कॉम्प्लेक्स, पाटो, पणजी हांगा, खास संग्रहाल खातीर जमीन संपादन केली आनी इमारत बांदल आदल्या संग्रहालयांतल्यो सगल्यो वस्तू ह्या नव्या जा स्थलांतरीत करून 18 जून 1996 ह्या दिसा भारता आदले राष्ट्रपती डॉ. श्री. शंकरदयाळ शर्मा हाचे हस्तु नव्या संग्रहालयाचें उक्तावण जालें. ह्या वेळ शिल्पकला दालन आनी ख्रिश्चन कला दालन ह्या दे दालनांची मांडणी केल्ली. ल्हव ल्हव एकेक न दालनाची भर घालून वेगवेगळ्या विशयावेल्या वट्ट 1 दालनांची मांडणी हांगा केल्ली आसा. हातुंतल्यो क कलावस्तू आनी चित्रां गोंयचे आदले ले. गव्हर्नर श्री शिशिरकुमार बॅनर्जी हांणी संग्रहालयाक देणगी म्ह दिल्यात. पणजेंत आशिल्लें इन्स्टिट्यूट मिनेझी ब्रागांझा कला दालन, ह्या संग्रहालयात स्थलांतरी केलां. गोंय कला अकादमीन संग्रहीत केल्लीं तत्काली चित्रकारांची चित्रां आनी हेर वस्तूंचो संग्रह सद्या क काळा खातीर ह्या संग्रहालयांत दवरला. विश्वप्रकृ निधी (W.W.F) ह्या संस्थेन दोन दालनाची मांडणी करू ह्या संग्रहालयाच्या ज्ञान संवर्धनाच्या कामाक हातभ लायला.

**हेतू आनी उद्देश :** गोंयची जी व्हड इतिहासीक आ सांस्कृतीक परंपरा आसा तिचें दर्शन लोकांक घडोव आनी हे विशीं चडांत चड म्हायती उपलब्ध करून दिव खातीर हें संग्रहालय वावुरता. गोंयच्या दायजाचें म्ह सांगपी वस्तुंचो संग्रह करून वेगवेगळ्या दालनांत त



...वस्थीत मांडून पळोवंक येतल्या, ...किपी भुरग्यांक, संशोधकांक ...नी हेर लोकांक ह्या वस्तूंवरवी ...ट जावपी इतिहास, संस्कृती, ...कजीण हांची म्हायती दिवपाचो ...न हांगा जाता.

**...महत्वाच्यो कार्यावळी-...वजण :** ह्या संग्रहालयांत दर ...र्साक जानेवारीच्या दुसऱ्या ...सकांत 'संग्रहालय सप्तक' ...ायतात. ह्या वेळार काय खाशेल्यां ...ार्यावळिंचे आयोजन जाता. हातूंत ...वीन दालनाचें उद्घाटन, विंगड ...गड विशयावेलीं अल्पकालीन प्रदर्शनां, इतिहास, ...स्कृती संशोधन मळावेल्या मानेस्तांची व्याख्यानां, ...रेसंवाद, भुरग्यां खातीर चित्रकला, प्रश्नमाची ह्यां सर्ती, ...ार्यशाळांचो आसपाव जाता. ह्या संग्रहालयाक भेट ...वपी लोकांक हांगाच्या वस्तुविशयीची म्हायती दिवपा ...ातीर खासा मार्गदर्शकांची नेमणूक केल्ली आसा.

शाळेच्या भुरग्यां भितर संग्रहालया विशीं जागरूकताय ...र्माण जावचे खातीर एक खाशेली येवजण ह्या खात्यान ...यार केल्ली आसा. ह्या येवजणे खाला उण्यात उण्यां ...ाळीस भुरग्यां सयत संग्रहालयाक भेट दिवपी ...ायस्कुलाक तीन वर्सांतल्यान एकदां उत्तेजन म्हण रु. ...000- दितात. हीच येवजण हाचे पयलीं गोंयच्या ...नडल स्कूल आनी हाय सेकंडरी खातीरूय राबयिल्ली.

...तशेंच शिकपी भुरग्यां खातीर आनी शिक्षकां खातीर ...ंगड विंगड विशयावेल्यो कार्यशाळा आनी प्रशिक्षण ...ांचेंय आयोजन हें संग्रहालय करता.

**म्हत्वाचें योगदान** : ह्या संग्रहालयांत प्रदर्शित ...केल्ल्यां इतिहास आनी संस्कृतीच्या नदरेन म्हत्वाच्या ...नाशिल्ल्या शिल्पांची खोलायेन म्हायती दिवपी एक पुस्तक 'रिमारकेबल स्कल्पचर्स इन द गोवा स्टेट म्युझियम' ह्या नांवान उजवाडाक हाडलां.

तेभायर संग्रहालयाच्या सगल्यां दालनांची म्हायती दिवपी एक पुस्तिकाय उजवाडाक हाडल्या जी हांगा भेट दितल्यांक विनामूल्य दितात.

**म्हत्वाच्यो व्यक्ती आनी तांचें योगदान** : ह्या संग्रहालयाच्या स्थापनेत आनी तें चालीक लावचे खातीर कश्ट घेवप्यांत पुराभिलेख, पुरातत्व आनी संग्रहालयाचे आदले संचालक श्री. व्ही. टी. गुणे, डॉ. प्रकाशचंद्र शिरोडकर, संग्रहालयाचे आदले संचालक श्री. लक्ष्मण पित्रे, संग्रहपाल सौ. किशोरी कुंकळयेकर तशेच सद्याची संचालीका आनी संग्रहपाल सौ. राधा भावे हांचो आसपाव जाता. हांगाची कांय दालनां, नामनेचे संग्रहालय तज्ञ पद्मश्री श्री. सदाशिव गोरक्षकर हांचे कल्पनेतल्यान आनी सहकार्यान आकाराक आयल्यांत.

**विशिश्ट आनी म्हत्वाचें कार्य** : ह्या संग्रहालयाची दिसान दीस उदरगत जायत आसा. आतां संग्रहालयांतल्या सगल्या दालनांनी वस्तूंचे प्रदर्शन जाल्लें

आसा. म्हणून ह्या खात्याचीं अल्पकालीन प्रदर्शनां आनी भुरग्यां खातीर शैक्षणिक कार्यावळिचें आयोजन करपाचेर आता चड भर आसा. खासा बायलां खातीर 'नारीशक्ती' नांवाचो एक उपक्रम ह्या संग्रहालयान हातांत घेतला आनी चालीक लायला.

फाटल्या वर्सा 'सत्तरी दर्शन' आनी आय. सी. एच. आर ह्या नवी दिल्लीच्या इतिहास संशोधन मंडळाच्या जोडपालवान 1857 च्या बंडा विशींचें मांडिल्लें छायाचित्र प्रदर्शन हांकां उपाट यश मेळ्ळें आनी व्हडा संख्येन लोकानी ताचो लाब घेतलो.

**प्रशासन वेवस्था :** संग्रहालय संचालकाच्या हातासकयल दोन संग्रहपाल, मार्गदर्शक व्याख्यातो, दोन वरिश्ठ संग्रहालय मार्गदर्शक, संवर्धन सहाय्यक, एक सुतार, वरिश्ठ आनी कनिश्ठ दालन सेवक, तशेंच चौदा संग्रहालय सेवक अशे तांत्रीक कर्मचारी आसात. शिवाय हांगा एक मुखेल कारकून, एक वरिश्ठ आनी स कनिश्ठ कारकून प्रशासकीय वेव्हार पळयतात.

संग्रहालयाचे सुरक्षेचे नदरेन हांगा चौवीसय वरां सुरक्षारक्षकांची नेमणूक केल्ली आसा.

ह्या संग्रहालयाचे सगलें कार्य गोंय सरकारच्या आर्थीक पालवान चलता.

**हेर संबंदीत म्हायती :** ह्या संग्रहालयांत धा हजारां वयर वस्तुंचो संग्रह आसा आनी विंगड विंगड विशयांचेर उजवाड घालपी वट्ट चौदा दालनां आसात. ही दालनां अशीं :

1. मूर्तिदालन 2. ख्रिस्ती दालन 3. मुद्रण कला दालन 4. बॅनर्जी कलादालन 5. धार्मीक अभिव्यक्तीदालन 6. सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन 7. समकालीन कलादालन 8. नाणकशास्त्र दालन 9. गोंयचे सुटके झुजाचें दालन 10. इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा दालन 11. फर्निचर दालन 12. सैमाचो वारसो दालन 13. पर्यावरण आनी उदरगत दालन 14. भूगर्भशास्त्र दालन.

संग्रहालयाच्या दारांतच दोनूय वटेच्या वणटीचेर



संग्रहालयांतलो पुरातन लांकडी रथ

थळाव्या हिंदू आनी ख्रिश्चन संस्कृतीचें दर्शन घडोव आझुलोस शैलीचीं तिजुल्यांचेर रंगयिल्लीं चि दिसतात. मुखेल दारांतल्यान भितर सरनाफुडें दिश पडटात तीं इतिहासपूर्व काळांत फातरार कोरील्ल चित्रांची, दावे - उजवे वणटीचेर लायिल्लीं छायाचित्र दक्षिण गोंयांतल्या सांगे तालुक्यांतल्या कोळंब ह्या गांवां पणसायमळ वाठारांत न्हंयच्या देगेर आशिल्ली म अश्म युगातलीं हीं प्रस्तर चित्रां. इसवी सना पयल सादारण 8000 ते 2500 वर्साच्या काळांत कोरातिल्ल आसात अशें संशोधकाचें मत आसा.

संग्रहालयाच्या दाव्या अर्दान मेकळे सुवातेर चंद्रना पर्वतावेल्या चंद्रेश्वर देवाचो प्राचीन आनी भव्य लांक रथ मांडिल्लो आसा. तशेंच सांखळेच्या विठ्ठल मंदिरा

रणें कोरीव लांकडी खांबय मांडल्यात. हांच्या वतणच्या सुवातेर एका वटेन गजलक्ष्मी, गणेश, विष्णू, ल्यार दुसरे वटेन राणी दोना मारिया, वास्को द गामा, इस द कामोईश हांच्यो मूर्ती आसात.

पयल्या दालनांत इसवी सन चौथ्या शतकांतल्या, यात जावन गेल्ल्या राजवटींतल्या राजाच्या ताम्रपटाचीं यांचित्रां. शिलालेख, कदंब राजा वीरवर्मा हांचो म्रपट मांडिल्लो आसा. हिंदू आनी जैन देव-देवतांच्यो शाणी मुर्ती, सतीचे फातर, वीरगळ तशेंच धातुच्यो कांय हान ल्हान मूर्ती हांगा आसात.

दुसऱ्या दालनांत कॅथोलिक संताच्यो लांकडी मुर्ती, शेंच पायेटा, काय ल्हान ल्हान हस्तीदंती मुर्ती, तैलचित्रां सात. डचाचेर पोर्तुगीजानी मेळयिल्ल्या जैताच्या दम्तेक तयार केल्लो व्हडलो बॅनर आसा.

तिसरें दालन सोळाव्या शेंकड्यांत गोंयात म्हणजेच शिया खंडांत पयल्या फावट सुरू जाल्ल्या मुद्रण लेचो इतिहास सांगपी छायाचित्रां आनी मुद्रण करूंक परिल्लीं आदलीं मशिनां प्रदर्शित केल्यांत.

चौथ्या दालनांत गोंयचे आदले नायब राज्यपाल श्री शिरकुमार बॅनर्जी हांणी ह्या संग्रहालयाक देणगी म्हणून ल्ल्या मोलादीक वस्तूंची मांडणी केल्या. हातूंत सिंधु स्कृतींतलीं पाशाणी शिल्पां, दक्षिण भारतांतल्यो तूमुर्ती तशेंच नेपाळ, थायलंड, इंडोनेशिया हांगाच्यो ांय धातुच्यो तशेंच लांकडी मुर्तीचो आसपाव जाला. भायर ह्या दालनाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार हांगा प्रदर्शीत ल्ली पहाडी, जयपूर, अवधी, कोटा, कांगा, दक्खन, थद्वारा ह्या विंगड विंगड शैलीतलीं लघुचित्रां आनी कांय मनेच्या आधुनिक कलाकारांनी रंगयल्लीं चित्रां सात.

पाचव्या दालनांतल्यो वस्तू गोंयच्यो धार्मीक चाली ती आनी उत्सव हांच्या विशीं म्हायती दितात. हांगा तयेचीं सोबीत वृंदावनां, पालखी, तरंगाच्यो प्रतिकृती, ंयातल्या जात्रा उत्सवानी वापरतात तीं वाद्यां, तशेंच देवजां, धातूचे तरेकवार दिवे, पुजेची आयदनां आनी कांय ताडपत्रां आनी कागदार बरयल्ल्यो पोथयो मांडल्यात.

सव्या दालनांत, गोंयची संस्कृताय आनी लोकजीवन हांचे दर्शन घडोवपी वस्तू आसात. तरेकवार आयदनां, आदल्या काळांतली वजनां, मापां, ताबुलफळ्यासारके घरगुती खेळ, शेतकामाची अवजारां ह्यो वस्तू सोबीतकायेन मांडल्यात. ह्या दालनाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार राष्ट्रपती इनाम फाव जाल्ले गोंयचें नामनेचे शिल्पकार श्री. विष्णु कुंकळकार हाणे घडयल्लें मातयेचे पुतळे.

सातव्या दालनात समकालीन चित्रां प्रदर्शीत केल्लीं आसात. हातूंत चिमूलकार, सोझा, हुसेन, रझा, आरा, लक्ष्मण पै ह्या आनी हेर नामनेच्या चित्रकारांची चित्रां आसात.

धाव्या दालनांत गोंय तशेंच भारतांतल्या कांय राजकर्त्यांचीं आनी हेर कांय देशांतली नाणीं मांडिल्लीं आसात. हातूंत सातवाहन, शिलाहार काळांतलीं तशेंच पोर्तुगीज राजवटींतलीं नाणीं तर आसातच तेभायर पोर्तुगीज काळांतल्यो मूळ चलनी नोटी, तांची छायाचित्रां, तांचे मोल्ड आनी ब्लॉक्सय प्रदर्शन पेटयांनी मांडल्यात.

णव्या दालनांत, छायाचित्रांवरवीं गोंयच्या सुटके झुजाची काणी प्रदर्शीत केल्या. गोंयचे नामनेचे झुजारी, दिपाजी राणे आनी ताच्या घराण्यांतले वारस हाणीं केल्लीं बंडां, तांचें कर्तुब, राम मनोहर लोहिया आनी ताचे सत्याग्रही वांगडी, आझाद गोमंतक दलाचे जवान, ऑपरेशन विजयचे सूत्रधार मेजर जनरल कॅन्डेथ हांची म्हायती, छायाचित्रां आनी लेखना वरवीं दिल्या.

णव्या दालनांत इन्स्टीट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा ह्या संस्थेन संग्रहीत केल्ल्यो वस्तू मांडल्यात. हातूंत दालू, क्लॉद ह्या सारक्या येरोपांतल्या कलाकारानी तयार केल्ल्यां शिल्पांच्यो प्रतिकृती आसात. तशेंच पोर्तुगेज आनी हेर पाश्चात्य चित्रकारांचीं चित्रां हातूंत पोर्सुलेन हांडे हाचोय आसपाव जाला.

अकराव्या दालनांत लांकडी सामानाचें प्रदर्शन मांडलां. हातूंत बारीकसाणेन कोरांतिल्लीं तरेकवार कदेलां, मेजां, कॉर्नर स्टॅण्ड, सोफा हांचो आसपाव जाता. पालखे सारके माचुल आनी पोर्तुगीजानी स्थापन केल्ल्या धर्मपीठाचें मेज (इन्क्वीझिशन टेबल) ह्यो हांगाच्यो म्हत्वाच्यो वस्तू.

बाराव्या दालनांत खास तयार केल्ले देखावे आनी छायाचित्रां हांच्या मांडणेंतल्यान गोंयच्या सैमीक संपत्तीची वळख करून दिल्या.

तेराव्या दालनांत मनशान केल्ली उदरगत आनी ताचो पर्यावरणाचेर जावपी परिणाम ह्या विशयाचेर खास देखावे तयार करून उजवाड घाला.

चौदाव्या दालनांत भूगर्भशास्त्र, गोंयचो खण उद्देग, गोंयांत आनी हेर वाठारांनी सांपडपी तरेकवार फातर हाचे विशीं म्हायती खास देखाव्या वरवीं उपलब्ध करून दिल्या.

ते भायर पयल्या माळ्यावेल्या वण्टीचेर गोंयच्या विंगड विंगड वाठारांतले लोकोत्सव, शंबर वर्सा पयलींचें पणजी शार ह्या विशयावेलीं छायाचित्रां लायल्यांत. तशेंच पोर्तुगीज काळांतली 1947 ह्या वर्सा पोर्तुगालांतल्यान प्रोविदोरिया ह्या संस्थे खातीर हाडिल्ली आनी गोवा मुक्ती उपरांतूय वापरांत आशिल्लीं सोर्तीचीं मशिनां मांडल्यात.

**- राधा भावे**

**गोवा विद्या प्रसारक मंडळ :** गोंयच्या फोंडें शारांतली एक आद्य शिक्षण संस्था. कांय अवघ्याच गोंयच्या शिक्षण संस्थानी शंभरी पुराय केल्या, तातुंतली ही एक प्रगतशील संस्था. हिची स्थापना दसऱ्या दिसा 2 ऑक्टोबर 1911 त जाली. फोंडें म्हालांतल्या केरी गांवचे आयुर्वेदाचार्य डॉ. रामचंद्र पांडुरंग वैद्य (दादा वैद्य) हांचे प्रेरणेन आनी फुडारपणान संस्थेचो जल्म जालो. ताका सीताराम विश्वंभर केरकार आनी विनायक रामचंद्र सरज्योतिशी ह्या कल्पक मनशांचो सांगात मेळ्ळो.

1911 त सुरू जाल्ले हे संस्थेच्या जल्मा फाटल्य एक फाटभूंय आसा. गोंयाचेर राज्य करपी पुर्तुगाल राजवट 1910 मेरेन हुकूमशायेची आसली. 1910 पुर्तुगालाक राजकीय क्रांती जावन थंय प्रजासत्ताका स्थापना जाली. ह्या राजकीय बदलाक लागून पुर्तुगाल वसाहत आशिल्ल्या गोंयांक विशेश करून गोंयच्या हिंदं राजकीय, शिक्षणीक, सामाजीक, सांस्कृतीक सवस्तक मेळूंक पावली. हे सवस्तकायेचो लाव घेवन गोंयांतल कल्पक बुद्दिच्या हिंदुनी फोंडें, मडगांव, म्हापशें, पण सारक्या शारांनी सांस्कृतीक, शिक्षणीक संस्था सु केल्यो.

दादा वैद्य हाणे फुडाकार घेवन सुरू केल्ले हे शिक्ष संस्थेचें सुरवातीचें नांव 'Liga da Propaganda c instrucao em Goa' आसलें. उपरांत तिचें नामां गोवा विद्या प्रसारक मंडळ केलें. हे संस्थे वतीन शिक्षणद करपी पयली शाळा सुरू जाली. तिचें नांव आस 'Colegio Antonio Jose de Almeida' हे शाळे आल्मेद कॉलेज नांवान चड वळखप जातालें. आंतोन जु आल्मेदा हाणें पुर्तुगालच्या पार्लमेंटांत, गोंयचे प्रजेक आनी विशेश करून हिंदूंक, तांचे मुळावे नागरीक ह मेळचे म्हण प्रयत्न केल्ले. ताच्या ह्या कार्याचें यादस्ती म्हणून हे शाळेक ताचे नांव दिवप जालें.

हे शाळेची सुरवातीची घडी बसोवपाक, पुण्या चित्रशाळेचे वासू काका जोशी, दादासाहेब परांजपे हाण दादा वैद्याक मदत केली. उपरांत फुडलें प्रत्यक्षांत शिक्षणदानाचें कार्य मुखार व्हरपाक पुण्या सावन दत्तात्र विष्णू आपटे, हरी गणेश फाटक, शंकर राव देशपांड जयकृष्ण नारळे, श्रीधर अनंत घाटे शास्त्री हे शिक्षक गोंया आयले. ताचे वांगडा पुर्तुगीज विभागाखातीर बांदोडें गोंयचे प्रो. नारायण अनंत शेट बांदोडकार आनी प्रो. नोग प्रुडंट लॉरेन्स हे प्राध्यापक आसले.

त्या काळांत सरकारी अनुदान मेळप शक नाशिल्ल्यान संस्था चालकांनी स्वतांच्या पयशांनी संस्थेच

र चलयलो. खुद्द दादा वैद्य हाणे संस्थे खातीर खर्चान इमारत बांदून दिली आनी उपरांत दर वर्साक ) रूपये प्रमाण जल्म आससर संस्थेक आर्थीक आदार लो. त्या काळांत 700 रुपया ही रक्कम ल्हान नासली. नो अवांतर खर्चय दादा वैद्यच करतालो अशें सांगतात.

हे संस्थेंत, फुडें गोंयच्या नावाजत्या व्यक्तिनी कोवपाचें काम केलां. दत्तात्रय व्यंकटेश पै, बा. भ. कार, दा. अ. कारे, वि. भा. प्रियोळकर, लक्ष्मणराव साय, शांताराम सुर्याजी सिनाय सिंगबाळ, कृष्ण राम सिनाय सिंगबाळ हे तातुंतले कांयजाण आसात. ाराम आनी कृष्ण हांणी शिक्षणदानाच्या कार्या वांगडा येचो सुरवेचो कारभारय सांबाळलो. डॉ. बाकृष्ण नाय साखरदांडे हाणे संस्थेच्या आरंभाच्या काळांत थेची प्रशासकीय आनी आर्थीक घडी बसोवपाक खूप ष्ट घेतल्या.

गोंय स्वतंत्र जातकीर, गोंयांतल्या शिक्षणाची व्याप्ती च वाडली. आदीं शारापुरती शिक्षणाची सोय आसली. आतां गांवांमेरेन पावपाची गरज उप्रासली. गोंय मुक्ती गंतचे परिस्थितींतल्या शिक्षणाची गरज म्हणून हे संस्थेन, डें म्हालांत बांदोड्यां आदर्श विद्यालय (1962), ग्रयवेऱ्यां उत्कर्श विद्यालय (1964), बोरये प्रगती ग्रालय आनी खांडेपारा प्रतिभा विद्यालय (1965), सुरू नं. श्रीमती नेली जोइल्द आगियार उच्च माध्यमीक ग्रालय (फर्मागुडी) 1975 त, गोपाळ गोविंद पै तुरकर कॉलेज ऑफ कामॅर्स अँण्ड इकोनॉमिक्स ोंडें) 1987 त, प्राणाचार्य दादा वैद्य शिक्षक प्रशिक्षण विद्यालय (फर्मागुडी) 2010 त सुरू करून ह्या मरांत उच्च शिक्षणाची सोय केली. फर्मागुडी हांगा ज्ञान केंद्र आनी तातूंत खगोलशास्त्राची वेधशाळा बांदून ज्ञानाच्या मळार देखदिणो वावर केलो.

आदल्या काळांत, फोंडेंचें आल्मेदा कॉलेज यस्कूल) ही फोंडें म्हालांतली आनी ताच्या आशी-शेच्या परिसरांतली एकमेव शिक्षण संस्था आसली. गोंय तंत्र जाय मेरेन, 1961 मेरेन दक्षिणेक मडगांव आनी उत्तरेक पणजी परस लागीं, एस. एस. सी मेरेनचें शिक्षण दिवपी दुसरी संस्था नासली. ते खातीर वेगवेगळ्या मळांचेर नामना जोडिल्ल्यां ह्या वाठारांतल्या प्रसिद्द व्यक्तिंचें सुरवेचें शिक्षण हें संस्थेंतल्यानच जालां.

माध्यमिक शिक्षणान सुरू केल्ले हे संस्थेचें नांव इस्कॉल (escola) म्हणजे स्कूल न दवरतां तें कॉलेजीयु (Colegio) म्हणजे कॉलेज दवरपा फाटली संस्थापकांची विचारीक कल्पकता जाणवता. हे संस्थेंतल्यान, कॉलेजीच्या शिक्षणाचे बरोबरीचें शिक्षण मेळचें हो ह्या नांवां फाटलो हावेस आसलो म्हणपाचें जाणवता.

**- सं.**

**गोवा विश्व विद्यालय : पळयात → गोंय विश्व विद्यालय**

**गोवा शिपयार्ड :** गोंयचो एक सरकारी जहाज-बांदणी उद्योग. गोवा शिपयार्ड लिमिटेड हाची स्थापणूक पुर्तुगीज सरकारान 1957 त 'एस्तालेरीयश नाव्हीयश द गोआ' (Estalerios Navais de Goa) ह्या नांवांन मुरगांव बंदरा लागीं केली. मीन (खनीज) येरादारी करपी बार्जीचें दुरूस्ती कामान ह्या शिपयार्डाची सुरवात जाली. गोंय स्वतंत्र जातकच 1967 त ताचें गोवा शिपयार्ड लिमिटेड अशें नामांतर जावन शिपयार्डाच्या संचालक मंडळा वतीन ताचो कारभार सुरू जालो. ल्हान बार्जी, नुस्त्या ट्रॉलर बांदकामान सुरवात करून आयचे घडयेक उच्च दर्जाची झुजा-जहाज बांदणी करपा मेरेन गोवा शिपयार्डाची मजल पावल्या. ताणें केल्ल्या वावराक लागून ताका भारत सरकाराचो 'ब' दर्जो1997 त प्राप्त जालो. भारताच्या पश्चिम दर्या देगे वयल्या शिपयार्डांमदींच न्हय तर एकूण भारतांतल्या अवघ्याच शिपयार्डांमदलें गोवा शिपयार्ड हें, जहाजांचे आरेखन, बांदावळ, दुरूस्ती आनी आधुनिककरणाची यार्डा अंतर्गत आशिल्ली यंत्रणा आशिल्लें एक यार्ड आसा.



**गोंवा शिपयार्ड जहाज बांदणी (गोद)**

योग्य कालमर्यादेभितर उच्च दर्जाची बांदावळ आनी दुरूस्ती करचे नदरेन गोवा शिपयार्डान आधुनीक यंत्रसामुग्री तशें कुशळ मनीसबळ वापरून, आधुनीक काळाची गरज भागोवपी जहाज बांदणी करून, ह्या मळार आपली खाशेली वळख करून दवरल्या. काळाची गरज वळखून ते प्रमाण प्रशासन आनी तांत्रीक यंत्रणेंत आधुनीक बदल घडोवन यार्ड अद्ययावत दवरपाचो सतत प्रयत्न जाला.

आतां मेरेन गोवा शिपयार्डान 185 जहाजांची बांदणी केल्या. तातूंत गस्त नौका, तोफ-पडाव, प्रशिक्षण नौका, हायड्रोग्राफीक सर्वेक्षण जहाजां, अती जलद घुरी पडाव, जहाज नांगरणी सुविधा, टोर्पेडो रिकव्हरी जहाजां, दर्यांतली धोको-बांदावळ, प्रवासी जहाजां, टग आदी बांदावळींचो आसपाव जाता. हातुंतलीं बरींच जहाजां इंडियन कोस्ट गार्ड, इंडियन नौदळ सारकिल्ल्या संरक्षण संबंधीत विभागां खातीर आसात. एकाच दिसा, तीन वरांच्या कालमर्यादेंत दोन जहाज बांदणेची बुनयाद घालप आनी एका जहाजाची तयारी पुरी करप हो शिपयार्ड मळार, गोवा शिपयार्डान 28 एप्रील 2006 दिसा केल्लो विक्रम आसा. जहाज बांदावळ, दुरूस्ती वांगडाच आतां गोवा शिपयार्डान सुटे भाग निर्मितींतय पावल घालून नौदळ, हवाईदळां खातीर आवश्यक अशा जहाज बांदणीचे सुटे भाग बंगळूर आनी कोचीन शिपयार्डां खातीर तयार केल्यात. ओमान देशाच्या रॉयल ओमा नौदळा खातीर, तीन बंदर-टग बांदून निर्यात करपा मागणी गोवा शिपयार्डान पुरी केल्या.

गोवा शिपयार्डाक आयज मेरेन 2005-06 वर्सा रक्षामंत्री सर्वोच्च पुरस्कार (दुसरे फावट), 2006-0 वर्सांचो डिझायन अँण्ड एफोर्टस खातीर आशिल्ल रक्षामंत्री पुरस्कार अशे पुरस्कार प्राप्त जाल्यात.

गोवा शिपयार्डाच्या संबंध यंत्रणेची सुदारणा करू आयज मेरेन जाल्ल्या वावराची परंपरा सांबाळू फुडाराक हाचेय परस चड आनी दर्जेदार वावर करपा कारभाऱ्यांचो संकल्प आसा. जहाज बांदणीचो वेव्हा करतांनाच, सामाजीक सेवेचें भान दवरून गोव शिपयार्डान आपल्या कर्मचाऱ्यां खातीर शिक्षणीक भलायकी आनी मनोरंजनाच्यो येवजण्यो चालीं लायल्यात. तेच वांगडा यार्डा भायल्या समाजा कडे इश्टागतीचे संबंद राखपाच्या उद्दीश्टान शिक्षणीक सामाजीक, सांस्कृतीक संस्थांक गरजेच्यो सुविद उपलब्ध केल्यात. गोंयच्या आर्थीक उदरगतींत विशेष करून जहाज बांदणीच्या मळार क्रांतीकारी वावर करू आपलें योगदान दिलां.

**- सं. मं.**

**गोवा क्षत्रीय मराठा समाज : पळयात → समाज कोंकणी**

**गोंसाल्वीस अँथनी जुजे :** (जल्म : 1928, माजोड्डें-गोंय, मरण : 18 जानेवारी 2012, माजोड्डें-गोंय).

एक नामनेचो संगीत संयोजक आनी संगीत संयोजनाचो प्रवर्तक. ताचो बापूय जुजे गोन्साल्वीस गांवचे इगर्जेंतलो कोरस-संचालक आसलो. ताचे कडसून अँथनीक संगीताचे प्राथमीक धडे मेळ्ळे. पिरायेच्या 16 वर्सांचेर तो संगीताच्या मळार व्हड संद आशिल्ल्या मुंबय



ारांत गेलो. त्या काळांत थंय फिल्मी-संगीताची चलती ासली आनी संगीतकारच फिल्मी गाण्यांचें संगीत ंयोजन (वादन संयोजन) करताले. अँथनीन संगीत ंयोजन ही स्वतंत्र संकल्पना मुखार हाडून ती येसस्वीय ली. ताणें हो प्रयोग 'हकीकत' ह्या 1964 त तयार ल्ल्या फिल्माच्या संगीतांत केलो आनी तो सगळ्यांक ानवलो. उपरांत अँथनीचे संगीत संयोजन फिल्मी पदां ोकप्रिय करचेलो फॉर्मुलो जालो. गुलाम हैदर, खेमचंद्र काश, अनील बिस्वास, श्यामसुंदर, मदन मोहन, सचिन व बर्मन अशा हिंदी फिल्म इंडस्ट्रींतल्या नामनेच्या ंगीतकारांनी अँथनीचे संगीत संयोजन घेवन फिल्मी-पदां ोकप्रिय केलीं. मधुमती, महल, हकीकत, भाभी की ुडियाँ, पाकिजा, परख, नौजवान, जाल ह्या फल्मांतल्या पदांक अँथनीचे संयोजन मेळिल्ल्यान तीं ीट जालीं.

अँथनीची आदली फाटभूंय पश्चिमी शास्त्रीय ंगिताची आसली, तरी मुंबयत ताका हिंदुस्थानी शास्त्रीय ंगिताची गोडी लागली. ह्या संगिताचो अभ्यास करताना ाका पन्नालाल घोष (बांसरी), पंडित नारायण, पंडित ्यामसुंदर, उस्ताद इनाम अली खान सारक्या हिंदुस्थानी ास्त्रीय गायक-वादकांची कला लागिच्यान आकलन रपाची संद मेळ्ळी. ताच्या संगीत संयोजनांत पश्चिमी आनी पुर्वी संगिताचो आसपाव आसतालो आनी ताचो बाज हिंदुस्थानी रागदारीक धरून आसतालो अशें जाणकारांचें मत आसलें.

1958 त ताणें 110 वांगड्यांचो भारतीय वाद्य-पंगड (ऑर्केस्ट्रा) घडयलो. ह्या ऑर्केस्ट्रांत मन्ना डे आनी लता मंगेशकर ह्या गायकांचो आसपाव केलो. मन्ना डे कडसून ताणे एक कोंकणी पद म्हणूनय घेतलें. पूर्व आनी पश्चिम संगित रागदारीचेर सादर जावपी ही आगळी-वेगळी संगीत कार्यावळ त्या काळांत तोखणायेची जाली.

मुंबय आसतांना लक्ष्मीकांत प्यारेलाल हे संगीतकार जोडयेंतल्या, प्यारेलाल हाका ताणे व्हायोलीन वाजोवंक शिकयल्लें. हें खुद्द प्यारेलालानच एके जाहीर कार्यावळींत जाहीर केलां. 1977 आयिल्ल्या आनी लक्ष्मीकांत प्यारेलाल हाणें संगीत दिल्ल्या अमर अकबर अँथनी ह्या फिल्मांतलें 'माय नेम इज अँथनी गोन्साल्वीस' ह्या पदांतलें ताचें नांव हें प्यारेलालान मुद्दाम घालून आपल्या व्हायोलीन - गुरूक गुरूदक्षिणा कशी दिल्या.

1965 त सायरकस युनिव्हर्सिटी (न्यूयॉर्क - अमेरिका) हांगा भारतीय संगीत शिकोवपा खातीर ताका शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. हांगा संगीत शिकयतनांच ताणे कांय संगीत-निर्मितीय केल्यो. वॉशिंगटनच्या लायब्ररी ऑफ कॉंग्रेस हांगा ह्यो संगीत निर्मिती सांबाळून दवरल्या. थंयच्यान तो थेट मुळ घरा माजोड्ड्यां येवन रावलो. ताणें मुंबयचें फिल्म इंडस्ट्रीकच न्हय तर एकंदर संगीत वावराक फाट करून, तो अलीप्ततायेन रावूंक लागलो. ताचे हे अलीप्ततायेचो कोणाक सारको सोद लागलोना.

अँथनीक 2004 त महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार, स्वर आलाप हे संस्थेचो पुरस्कार, 2010 त कर्मवीर पुरस्कार, 2011 त प्रतिश्ठेचो दादासाहेब फाळके पुरस्कार फाव जाल्यात. गोंयांत जाल्ल्या इफ्फींत (आंतरराष्ट्रीय फिल्म महोत्सव) ताचो भोवमान जाला. तशेंच तेन्ना ताचें जिवीत आनी कार्य हाचेर अँथनी गोन्साल्वीस, द म्युजीक लिजंड' हो श्रीकांत जोशी निर्मित माहितीपट दाखयलो.

**- सं.**

**गोंसाल्व्हिश, एरकुलानु दामासेन :** (जल्म : - बाणावली, मरण : ---?)

क्रिस्ती धर्म फुडारी. सँट आलेक्स हे धर्मसभेचो तो संस्थापक आसलो. गोंयांत बार्देस म्हालांतल्या कळंगूट वाठारांत आशिल्ले हे धर्मसभेक, सद्या 'हॅन्डमेड्स ऑफ क्राईस्ट' (Handmaids of Christ) ह्या नांवान वळखतात. 1930 वर्सा ताणें थंय एक अनाथाश्रम सुरू केलो आनी 1931 वर्सा एक शाळा सुरू केली. उपरांत कांय उमेदी चलयो ताका मेळ्ळ्यो आनी तांच्या पालवान ताणें 1934 वर्सा 'पायस असोसिएशन' (Pious Association) ही संस्था सुरू केली. फुडें 1849 वर्सा हे संस्थेचें धर्मसभेंत रूपांतर जालें.

**- सं. मं.**

**गोंसाल्व्हिश, जुजे कायतान** : (जल्म : ---?, मरण : 1978).

क्रिस्ती धर्म फुडारी. हडफडें (Arpora) हो ताचो मूळ गांव. 1858-69 काळांत तो गोंयच्या कॅथेड्रलाच्या धर्माची नेमावळ पळयतालो. 1869-71 काळांत तो गोंयचे आर्किडायोसीसचो व्हिकार जनरल आशिल्लो. 1874-78 मेरेन मुखेल धर्माध्यक्ष (Preate) म्हूण ताणें मुझांबीक ह्या वाठारांतलो अधिकार चलयलो. पूण ताका बिशपपणाची दीक्षा मेळ्ळी ना.

**- सं. मं.**

**गोंसाल्व्हिश, राऊल निक्लाव :** (जल्म : 15 जून 1927, बांबोळी -तिसवाडी).

गोंय आनी दमण वाठारांचो आर्चबिशप, तेचपरी ईस्ट इंडियाचो तो पात्रिआर्क आशिल्लो. ताचें शिक्षण राशोल सेमिनारींत जालें. डिसेंबर 1950त पाद्री म्हूण ताची नेमणूक जाली. ऑगस्ट 1954 त राशोलचे पॅट्रिआर्कल सेमिनारींत तो प्राध्यापक जालो. 1956 त तो साळगां पिळर्णच्या मायनर सेमिनारी ऑफ अवर लेडीचो रे जालो. 1962-64 ह्या काळांत तो 'आपॉस्ताल न्युन्सिएचर' (नवी दिल्ली) चो सेक्रेटरी आशिल्ल सप्टेंबर 1964 वर्सा 'पास्तोस्त इन्स्टिटय़ूट सांत पाय चो तो संचालक जालो. 1967 वर्सा तो गोंय आनी द वाठाराचो बिशप सहाय्यक जालो. 1972 वर्सा ऑर्किडायोसीजांचो आपोस्तोलीक प्रशास (Administrator Apostolic) जालो. उपरांत ताका ग आनी दमण वाठाराचो आर्चबिशप म्हूण पदवी मेळ 1978 वर्सा तो ईस्ट इंडिजाचो 'पेट्रिआर्क आदऑनोरे (Patriarch adhonorem) जालो. ही पदवी घेवपो पयलोच गोंयकार आनी पयलोच भारतीय जावन आस आर्किडायोसीजा खातीर ताणें तळमळीन वावर केला.

**- सं.**

**गौडपादाचार्य :** (इ. स. 7 वें शतक) भारतांतलो तत्वगिन्यानी. ता अद्वैत सिद्धांताची मूलभूत आनी तर्कशुद्ध मांडणी सगल पयली केली. ताचे वेल्यानच फुडें शंकराचार्यान अद्वै वेदान्ताची व्हड परंपरा निर्माण केली.

'गुरूपरंपराचरित्र' ह्या संस्कृत पुस्तकांत श्रीरामकृष्ण सोमयाजी हाणे गौडपादाचार्याचो उल्लेख असो केल भूपाळ (जिल्लो - सांगली) हांगाच्या शुक्राचार्याच्य कृपेन गांवातल्या विष्णूदेव आनी गुणवती हांव 'गौडपादाचार्य' पूत जल्माक आयिल्लो. ताका लागू ताका शुक्रदत्त हें नांव दवरलें. ल्हानपणांतच ताक विरक्ती प्राप्त जाल्ल्यान, ताच्या दृष्टांतानुसार तो वं देशांत विष्णुदेव ह्या सिद्धपुरूशा कडेन गेलो. शुक्रदत्त ह खूप पयसुल्ल्यान चलत गौड देशांत आयिल्ल्यान विष्ण देवान ताचें नांव गौडपाद अशे दवरून ताका सांप्रदायिक मंत्र आनी उपासना पद्दती शिकयल्यो. एके आख्यायिके वेल्यान तो गौडदेशीय वा गौडवंशीय आसलो वा त



आदी गौडपादाचार्य

ुरूक्षेत्रांत रावतालो. आनी ब्रदिकाश्रमात ताचेर ईश्वराची ृपा जाली. 'मांडूक्योपिनिषत्कारिकां' वेल्या भाष्याच्या रमाण्या वळींत शंकराचार्यान गौडपादाचो उल्लेख परमगुरू' असो केला. ताका लागून गौडपादाचार्य हो ांकराचार्याच्या गुरूचो गुरू आसलो. ह्याच भाष्या ल्यान तो इ. स. 7 व्या शेंकड्यांत म्हळ्यार ांकराचार्याच्या पयली जावन गेलो असो अदमास करूं ाता.

गौडपादाचार्यान 'अथर्ववेदीय मांडूक्योपनिषदा' चेर ्रूण 215 कारिका बरयल्यो. 'गौडपादकारिका' वा आगमशास्त्र' हे ताचे ग्रंथ आसले. आगम, वैतथ्य, अद्वैत आनी अलातशांति हीं कारिकाचीं चार प्रकरणां आसात. हातुंतलें पयलें आगम-प्रकरण (29 कारिका) मांडूक्योपनिषदा' वेलें भाष्य आसून उरिल्लीं प्रकरणां गौडपादाचार्यान स्वताच रचिल्लीं आसात.

श्रुती, तर्क आनी अणभव हांचो आदार घेवन ताणे चार अवस्था सांगल्यात. 1) विश्व - जागृत आसतना बाह्य वेशयांचो अणभव घेवप 2) तेजस - सपनाच्या अवतिकायेत मनांत उरिल्लो 3) प्राज्ञ - सुप्त अवस्थेंत - काळजांत उरपी 4) सुर्य - केवल, नित्य, सर्वव्यापी, परमात्मा. हातुंतल्यो तीन अवस्था अ आनी म ह्या ॐ कारातल्या वर्णानी विदीत जातात.

ताच्या अद्वैत वैदांताचो मुखेल सिद्धांत अजातिवाद आसा. सांख्याचो सत्कार्यवाद आनी न्याय वैशिषिकांचो असत्कार्यवाद, (आरंभवाद) हे दोनूय वाद असिद्ध आसात अशें गौडपादाचार्याचें मत. मनशाचें कार्य सताक धरून आसल्यार ताका कारणां सोदपाचीं गरज लागना. कारण तें असत्य आसल्यार निर्माणच जावचें ना. म्हणजे जे ना तें निर्माण जायना. अद्वैत सिद्धांता खातीर उपनिषदांतली, तशेंच श्रीमदभगवद्गीतेंतली वचनां आदार म्हण दिल्लीं आसात.

बौद्धमताचो बारकायेन अध्ययन करून तांणे तें अद्वैत सिद्धांता परस वेगळे आशिल्ल्याचें दाखोवन दिलें.

अशें म्हणटात की गौडपादाचार्यान कांय ग्रंथ बरयिल्ले ते म्हळ्यार 'सांख्यकारिकाभाष्य', 'उत्तरगीतावृत्ति', 'श्रीविधारत्नसूत्र', 'सुमगोदय', 'दुर्गासप्तशती', 'नृसिंहोत्तरतापिन्युनिषद्भाष्य', 'अनुगीताभाष्य', 'चिदानंदकेली विलास' (देवी माहात्म्य टीका), हेर.

- सं. मं

**गौड सारस्वत ब्राह्मण : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**गौरी (गवर) :** पार्वतीचें एक नांव. हिमालयाची चली म्हूण पुराय ग्रंथांनी तिचो उल्लेख येता. शंकरान एक फावट तिका 'काली' म्हळें, म्हूण पार्वतीन खर तप करून आपले कुडीचो धवो रंग करून घेतलो. तेन्ना सांवन तिका 'गौरी' म्हूण वळखुपाक लागले असो एक समज आसा.

शिवलिंगोपासनेंत गौरी ही शिवाची शक्ती मानल्या.



गौरी विसर्जन

आध्यात्मीक नदरेन तिका शिवरूप आत्म्याची ब्रह्माकार वृत्ती मानल्या.

गौरी पुजेसंबंदान पुराणांत ज्यो कांय कथा चलतात, त्यो अशो :

एक फावट दैत्यांच्या त्रासांक पिडून बेजार जाल्ल्यो सगळ्यो बायलो गौरी कडेन गेल्यो आनी आपलें सौभाग्य राखून दवर म्हणून विनवपाक लागल्यो. तांचे मागणेक मान दिवन गौरीन दैत्यांचो नाश केलो आनी धतरे वयल्या प्राणीमात्रांक संकश्टांतल्यान मुक्त केले. तेन्ना सांवन सगळ्यो बायलो गौरीक पुजपाक लागल्यो.

महाराष्ट्रांत भाद्रपद म्हयन्याच्या शुक्ल पक्षांत गौरीक पुजतात. हे गौरीक 'ज्येष्ठा' गौरी म्हणटात. हें व्रत तीन दीस चलतात. अनुराधा नक्षत्राचेर गौरीक आवाहन करप, ज्येष्ठा नक्षत्राचेर गौरी पुजेक लावप तर मूळ नक्षत्राचेर गौरीचे मूर्तीचें विसर्जन करप अशी चाल आसा. गौरी पुजतासतना ती मातयेचीच करपाक जाय अशें बंधन ना. धातूची मूर्त, कागदाचेर काडिल्लें चित्र वा न्हंयच्या देगे वयले पांच फातर गौरी म्हूण पुजपाक उपकरतात.

महाराष्ट्रांतलो भोवजन समाज गौरी वेगळेच तरेन पुजतात. तांचो गौरी पुजनाचो विधी फुडले तरेन आसा :

मातयेच्यो पांच ल्हान मडक्यो हाडून तातूंत हळदीन रंगयल्लो दोरो घालतात. पांच खोबऱ्याच्यो वाटयो आनी खारको घालून ताचेर गौरीचें मातयेचें मुखें घालतात. गौरीच्यो अशो दोन प्रतिमा करून तांची पुजा करतात. तिसऱ्या दिसा त्यो मडक्यो देवोवन तातुंतलो दोरो, खारको, खोबरे हांचे कुडके दोराक बांदून घरांतल्या सवायशीण बायलांच्या आनी ल्हान भुरग्यांच्या गळ्यांत बांदतात. फुडें एकाद्रो बरो दीस पळोवन तो दोरो काडटात आनी धंया-दुदांत भिजोवन शेतांत पुजतात. कांय कडेन घरांतल्यो ल्हान चलयो वासाळ फुलांच्या वनस्पतींच्यो रोंपयो हुमटून तांची गौरी करतात आनी ते गौरीक मिरयत मिरयत घरांत हाडटात. घराच्या दारांत गौरी वेल्यान तांदूळ आनीउदक हुंवाळून उडयतात. उपरांत गौरीक घरांतले दर एके कुडींत व्हरतात. घरची धनीण, गौरीक भांगरा-शिंगरांनी भरिल्ल्या घरांत सदां खातीर राव अशें म्हणटात. ते राती त्या वनस्पतींच्या रोंपांक बायलेचो आकार दितात आनी तांचेर गौरीचें मुखें बसयतात.

दुसऱ्या दिसा गौरीची पुजा करून मोदकांचो निवेद्य दाखयतात. सवायशीण बायलो आपले उंचायेचे सोळापटीन दोरो घेवन, ताचो गुटलो करून गौरीमुखार दवरतात आनी पुजा करतात. राती कडेन सगळ्यो बायलो पुजा करतात. तिसऱ्या दिसा गौरीची आनी सुताच्या गुठल्यांक सोळा गांठी मारून तांची पुजा करतात. तो गुठलो हळदीन रंगोवन तातुंतलो दोरो घरांतल्यो सवाशीण बायलो आपल्या गळ्या भोंवतणी बांदतात आनी नवें पीक तयार जायसर गळ्यांत दवरतात. आश्विन वद्य अष्टमीक हो दोरो काडून पुजा करतात.

तिसऱ्या दिसा गौरीचें न्हंयेंत विसर्जन करतकच न्हंयेंतली थोडी रेंव हाडून सगळ्या घराचेर आनी पोरसांतल्या झाडांचेर उडयतात. अशें केल्यार घरांत सुख-सामादान नांदता आनी झाडां-झुडपांची राखण

ाता असो समज आसा.

कोंकणांत गौरीचे परबेक व्हड म्हत्व आसा. ते लोक ाड्ड्याच्यो रोंपयो एकठांय बांदून तांची प्रतिमा करतात ाचेर मातयेचें मुखें घालून मूर्तीक साडी न्हेसोवन भांगरां-ागरान नटयतात. दक्षिण भारतांत भाद्रपद शु. तृतीयेक ारीचे परब मुरू जाता आनी ती खूब दीस चलता. दरेका ावांत गौरीची एक पिठाची प्रतिमा करतात आनी मखरांत ावन पुजतात.

गोंयांत भाद्रपद शु. तृतीयेक म्हळ्यार गोंयांतल्या ामनेचे चवथीचे परबेच्या आदल्या दिसा म्हणजे जिका नय' म्हणटात त्या दिसा, गौरीचें पूजन करतात. गोंयांत या दिसा 'गवर' पुजेक लायली अशें म्हणटात. चिड्डो, र्ने, बेल अशां रानटी फुलां पानांचो संग्रह कासाळेच्या ानांत बांदून ताचेर पार्वतीचें चित्र लायतात. हे ांदावळीक मुठामो म्हणटात. मुठाम्या सयत गौरी पुजेक ायतात.

पंचमी दिसा गणपती विसर्जन करचे पयलीं गौरीचें ेसर्जन करतात. हाका गौरी पावोवप म्हणटात.

- सं.

**गौरी पुजन (तय) :** चवथीच्या परबेच्या आदल्या दिसाक, गौरीचें (पार्वती) पुजन करतात, ताका तय अशे म्हणटात. केन्ना केन्ना तय आनी चवथ एकाच दिसा येता. ह्या दिसा 'गवर' पुजतात. ह्या दिसा उपास करतात. हो उपास खूब कडक आसता. हो उपास सवायशिणी बायलो करतात. गवर पुजून तिचो हौसो भरतात. हौसो गांवांगांवांनी वेगवेगळे पद्दतीन करतात. दरेका गांवांत वेगवेगळी रीत आसता.

कांय गांवांनी एकावन हळदीचे खोले गवरीक दाखयतात. हाचे बराबर पांच तरेच्या फळांच्यो फोडीय दवरतात. पंचखाद्य, सुपारेचो कुडको, खावचें पान, फूल आनी कुकूम त्या खोल्यांचेर दवरतात आनी गवरीक हो प्रसाद दाखयतात. वायनां जिका हौसो म्हणटात तीं सांजे वेळार सवायशिणींक वाट्टात. थोड्यो बायलो कांय गांवांनी हो उपास आडसराचे उदक पियेवन करतात.

गवर वेगवेगळ्या तरेन बांदतात. कांय गांवांनी गवर बिमलीच्या पानांनी बांदतात. कांय कडेन एकवीस तरेच्यो खांदयो हाडून गवर बांदतात. तर कांय कडेन लोक गौरीचे मातयेची मुर्ती हाडून पुजतात. दर एका गावांत गवर बांदपाची वेगवेगळी रीत आसा. अंजुणाचो एक खोलो हाडटात. हो खोलो सादारण भेंडयेच्या पानां सारको दाट आसता आनी ह्या खोल्याचो आकार पिपळाच्या पाना सारको आसता. हर्ने, बेलाचीं पानां, रानचिड्डे, मानीचो पालो, रूजल्ल्या हळदीचें झाड, (हळदीचो थाम). हे सगळे जीन्नस एकी कडेन करून त्या अंजुणाच्या खोल्यांत गुठलायतात आनी ताचे वयर गवरीचें चित्र आशिल्लें कागद जें गवर म्हणून बाजारांत मेळटा तें बांदतात. तिका अणशीच्या दोरान गुंथिल्ले काळे मणी, मदीं भांगराचो मणी घालून मंगळसूत्र बांदतात. पाचवीं काकणां तिका दवरतात. तये दिसा गौरीच्या दुवाळ्यांचें जेवण म्हण, 'वरण' आनी 'पांच पाल्याची' भाजी रांदतात. कांय कडेन अळणी पायस, अळणी पातोळी (मोनी पातोळी) आनी एकवीस तरेची पाल्याची भाजी एकीकडेन करून पानार वाडटात. तातूंत त्या काळांत जावपी कुड्डुकेची भाजी, तायखिळो, म्हस्काचीं पानां, दुदणीचो बेल, धवी भाजी हांचो मुखेलपणान आसपाव आसता.

- सं.

**गौळण : पळयात → गवळण**

**घट स्थापना :** हिंदु धार्मीक विधी. घट म्हणजे कलशा सारकें आयदन. स्थापना म्हणजे बसोवप वा स्थापना करप. नवरात्र उत्सवाच्या पयल्या दिसा उदकांत भरिल्लो कलश देव्हाऱ्यांत पाटार बसयतात. त्याचे कुशीक दुर्गादेवीची मुर्त वा चित्र उबें करतात आनी घटरूपी दुर्गा देवीची स्थापना करतात. ह्या कलशा भोंवतणी शेण भरसिल्ली माती दाळटात आनी ताचेर भात, जोंधळो, गंव, हरभरो, नवस, सातू, राळे, उडीद, मको अशी णव धान्यां किल्लत घालतात.



ह्या कलशाची विधीवत पुजा अर्चा करून देवीची ताचेर स्थापना करतात. पयल्या दिसा एके फुलांचे माळेन सुरवात करून दुसरे दिसा दोन, तिसरे दिसा तीन अशा चडट्या क्रमान णव दीस फुलांच्यो माळो कलशार ओंपतात. णव दिसां भितर किल्लत घाल्लें धान्य किल्लता आनी वयर सरता. हें धान्य किल्लवप म्हणजे कलशा वरवीं जाल्ले नवनिर्मितीचें प्रतीक समजतात.

णव्या दिसा पर्थून विधीवत पुजा-अर्चा करून घट आनी स्थापीत जाल्ले देवीचें विसर्जन करतात.

- **सं.**

**पुरक नोंद : नवरात्र**

**घडी घालप :** एक गांवठी उपचार पद्दत. जेन्ना मनशाक जोर येवन ताचें आंग तापता आनी विशेश करून जेन्ना जोर मस्तकाक मारून तकली जोरान तापता, तेन्ना तकलेचें वयर चडिल्लें तापमान सकयल देवोंवच्या उद्देशान, ताच्या कपलार कॉलन उदकान भिजयल्ल्यो कपड्याच्यो घडयो घालतात. घातिल्ली घडी सुकली की ती काडून थंय दुसरी ओली घडी घालची आसता. अशी घडये फाटल्यान घडी घालपाचो उपचार सतत चालू दवरतकच घडयांचे थंडसाणीन तकलेच्या तापमानाचें नियंत्रण जाता. जोराच्या तापमानाचे खरसाणीचेर घडयो घालपाचो काळ थारता. केन्ना केन्ना ह्यो घडयो घालपाची क्रिया वरांची वर चालू दवरची पडटा.

तकलेच्या जोराच्या तापमानाचेर वेळारच नियंत्रण दवरलेंना तर तापमानाचो मनशाच्या मेंदवाचेर वायट परिणाम जावंन मनशाच्या जिवाक धोको जावपाची शक्यताय आसता. आधुनीक काळांत अशा तापमानाचें नियंत्रण हाडपी वखदां उपलब्ध आसलीं तरी आयज लेगीत घडयो घालपाची उपचार पद्दत वापरांत आसा. चड करून वैजकी सेवा उपलब्ध जाय म्हणसर प्राथमीक उपचार म्हणून तिचो वापर जाता.

- **सं.**

**घणसा बैल : पळयात → नंदी बैल**

**घर प्रवेश :** घर बांदल्या उपरांत तातूंत रावपाक येतांना जी धार्मीक विधी करतात ते विधीक घर प्रवेश म्हणटात. घर प्रवेश करचे पयलीं म्हूर्त थारायतात आनी तेप्रमाण त्या दिसा तो घडोवन हाडटात. ह्या दिसा घराच्या दारामुखार रांगोळी घालतात. घराच्या दाराक तोरण लायतात. हे तोरण एक तर सुतापसून तयार केल्लें लायतात नाजाल्यार रोजांच्यो माळो, जंय आंब्याचे ताळे लायिल्ले आसतात ताचें तोरण लायतात. तशेंच घरांतल्या देव्हाऱ्यांत देवाचें अधिष्ठान करतात. सगळें घर सजयतात.

माघ, फाल्गून, वैशाख आनी ज्येष्ठ ह्या म्हयन्यांत घर प्रवेश करप हें शुभकार्य अशें मानलां. बुधवार, बिरेस्तार आनी शुक्रार ह्या वाराक घर प्रवेश केलो तर घर संपत्ती आनी चलो (पुत) हांचो लाभ जाता. पुष्य, धनिष्ठा, मृग, शततारका, रोहिणी आनी तीन उत्तर ह्या नखेत्रांचेर पूर्णचंद्र आसतना घर प्रवेश शुभदायक थारता. अशें रत्नकोशांत सांगलां. चडशे लोक चैत्रांतलो पाडवो, आश्विनातली विजयादसम, वैशाख म्हयन्यातली अक्षय तृतिया आनी कार्तीक म्हयन्यांतली एकादस ह्या साडेतीन शुभ म्हुर्तार घर प्रवेश करतात.

घर प्रवेश (भितर सरतना) करतना खंयच्या केंतल्यान करचो हाचेर अनेक स्मृतिकारांनी आपलीं नां मांडल्यांत. प्रतिपदा, षष्ठी आनी एकादशी ह्या नंदा मक तिथी आसतना दक्षिण दारांतल्यान घरांत प्रवेश रचो. भद्रा नामक द्वितीया, सप्तमी आनी द्वादशी ह्या थींनी पश्चीम दारांतल्यान घरांत प्रवेश करचो. आनी वम, दसम आनी पूनव (पौर्णिमा) हीं पूर्णा नामक तिथी ासतना पूर्व दारांतल्यान प्रवेश करचो, अशें बृहस्पतीन ांगलां.

घर प्रवेशाचे दिसा वास्तुशांतीय करतात. ास्तुपुरूशाच्या प्रसन्नताये खातीर आनी बांदिल्लें घर जमानाक आयुश्य, आरोग्य, निर्विघ्नता, संपत्ती आदी ांाली बरेतरेन प्राप्त जावचे खातीर जीं कृत्यां करतात, ाका वास्तुशांती अशें म्हणटात.

ह्या दिसा भट होमकूंड तयार करून थंय सगळी विधी गय करता. उपरांत यजमानदांपत्याचेर तांच्या घरच्या ायत ऋत्विज अभिषेक करतात. तिहेरी सूत घेवन वमान आनी राक्षोघ्न हीं सुक्तां म्हणींत तो नव्या गभोंवतणी तें सूत रेवडायता. ह्या वेळार यजमान आनी ाची बायल दूद आनी उदक हाची धार धरीत राभोंवतणी प्रदक्षणां घालतात. घराच्या आग्नेय दिकेच्या का दालनांत कोनशाक धोंपरभर फोंड खणटात. एका टयेंत सात धान्य, धंय, शीत, फुलां आदी ह्यो वस्तू ालून तातूंत वास्तुपुरूशाची एक प्रतिमा दवरतात. ्परांत यजमान ती पेटी त्या फोंडांत दवरून ास्तुपुरूशाची प्रार्थना करता. ती अशी :

**सशैलसागरां पृथ्वीं यथा वहसि मूर्धनि।**

**तथा मां वह कल्याणसम्पतसन्तातिथीः सह॥**

**अर्थ :** हे वास्तुपुरसा, तूं जेप्रमाण पर्वत आनी सागर ांचे सयत पृथ्वी शिराचेर धारण करता तेच प्रमाण ल्याण, संपत्ती आनी संतती हांचे सयत म्हाका मस्तकीं ारण कर.

उपरांत तो फोंड आशिल्लो तसो पुरतात आनी भटाक क्षिणा दिवन ही शांतिविधी पुराय करतात.

उपरांत थारायिल्ल्या म्हूर्तार घर प्रवेश करतात. त्या वेळार यजमान धंय, अक्षता. गंध, पल्लव, फुलां आनी उदक घातिल्लो एक कळस (कलश) हातांत घेवन उबो रावता आनी भटान घरांत पवेश केल्या उपरांत घरचीं ताच्या फाटल्यान घरांत प्रवेश करतात. ह्या वेळार 'गृहा मा बिभीत' ह्या मंत्रांचो जप करतात.

घरप्रवेश जाल्या उपरांत देवाक पान दाखयतकच जेवण करतात. दांपत्याच्या कपलाक कुकूम-अक्षता लावन आहेर दितात.

घर प्रवेशाच्या वेळारच दाराफुडें तुळशी वृन्दावनाची स्थापना करून तिका अधिष्ठान प्राप्त करून दिवप जाता. हाका तुळस उजवप म्हणटात.

प्रत्येक वर्सा नाजाल्यार ऋतूंत वास्तुशमन होम करचो, अशेंय सत्याषाढ गृह्यसुत्रांत सांगलां.

हिंदू सारकेच हेर धर्मीय लोक आपापल्या धर्म गुरूक घरांत हाडून तांचे कडच्यान घरातं तीर्थ शिंपडावन घेतात आनी तांच्या आशिर्वादा वरवीं घर यजमानाक जैताक येवंचें अशी मागणी करतात. हे धर्मगुरू आपापल्या देवांक प्रार्थनेवरवीं होरायता आनी घराचेर देवाची कृपा उरची अशें मागता.

- **सं.**

**घर भरोवणी :** लग्न जावंन घोवा घरा येवपी व्हंकलेच्या पयल्या घर प्रवेशाचो धार्मीक विधी.

व्हंकल पावणी (न्हवऱ्या व्हंकलेची वरात) न्हवऱ्याच्या घरा कडेन पावतांना घरांत भितर सरचें पयलीं घराच्या हुमऱ्या भायर न्हवऱ्याची आवय वा घरांतली व्हडपणाचो मान आशिल्ली सवायशीण बायल, न्हवऱ्या-व्हंकलेची तांबड्या उदकान आनी पिठागुळ्यांनी ओवाळणी करून उपरांत दिव्याची ओवाळणी करतात. हो विधी जातकच हुमऱ्यार तांदळानी भरिल्लें माप हुमथून व्हंकल आपलो उजवो पांच पयलीं घरांत दवरता. वांगडा न्हवरोय तिचे वांगडा भितर सरता.

दोगांकय देवा मुखार बसोवन देवाची पुजा करून जाले उपरांत न्हवरो व्हंकलेच्या कानांत व्हंकलेचे लग्ना उपरांतचें नवें नांव सांगता आनी उपरांत तें जाहीर करता. हो नामकरण विधी जातकच साकर वा गोड पदार्थ वांटून उपस्थितांचे तोंड गोड करतात.

आदल्या काळांत लग्ना उपरांत व्हंकलेचें आदलें नांव सर्रासपणान बदलून घोव तिका नवें नांव दितालो. आनी हें नवें नांवच मागीर तिचें कायदेशीर नांव जातालें. आधुनीक काळांत व्हंकलेचें नव्यान नामकरण सर्रास जायना. आडवादान जाता. तिचें आदलेंच नांव लग्ना उपरांतय दवरपाची आयच्या तरणाट्यांची मानसिकताय तयार जाल्या.

नामकरण विधी जाले उपरांत न्हवरो-व्हंकल हाताक बांदिल्ले एकमेकाचे दोर सोडटात. पांच सवायशिणी बायलो न्हवऱ्याचें बाशिंग देवोवन देवा मुखार दवरता. उपरांत तांबड्या उदकाच्या आयदनांत दवरिल्ली कांजीणिची मुदी व्हंकल आवाज करिनासतांना सोदून काडटा आनी आपल्या बोटांत घालता. उपरांत कांजीणिच्या उदकांत हात बुडोवन व्हंकल देवाकडचे वण्टीर पांचदां हाताचे चपके लायता. ह्या वेळार व्हंकलेन (सुनेन) मांवाचे मांडयेर आनी न्हवऱ्यान (पुतान) आवयचे मांडयेर बसपाचो विधी जाता. सगळ्यां जाण्ट्यां मनशांच्या पायां पडलें उपरांत घर भरोवणेचो विधी सोंपता.

महाराष्ट्रांतल्या कोंकण वाठारांत न्हवरो-व्हंकल दारांत पावतकच न्हवरेकारा वटेनची कुणबीण न्हवऱ्या व्हंकलेचे पांय धुता. तांच्या आंगा वयल्यान पिठाचे गुळे हुंवाळून उडयतां आनी तांच्या मुखार पिठाचे दिवे पेटोवन दवरता. उपरांत थंयच व्हंकलेच्या पदरांत आशिल्ली लग्नाहोंट उतरावन घेतात आनी तिची परती होंट भरतात. तिच्या हातांत लामणदिवो दिवन कुणबीण तिच्या हाताक धरून मडवळान जमनीर घाल्ल्या कापडी पांय घडये वयल्यान तिका घरांत व्हरता. वताना व्हंकल आपले होंटीतले तांदूळ इल्ले इल्ले करून जमनीर सोडीत घराच्या हुमऱ्या मेरेन वता. हुमऱ्याय तांदळानी भरिल्लें माप पायान उडोवन ती न्हवऱ्या वांगडा घरांत प्रवेश करता.

**- डॉ. अनंत राम भट**

**घरय :** पिक्या घऱ्यांचें खाण.

**साहित्य :** अर्दोहरवो जून कापो पणस, अर्द कुलेर हळदीचो पिठो, दोन कुलेरां मिरसांगाचो पिठो, एक कुलेर सांसवां, एका वळ्याची सोय, 3 ग्राम हिंग, मीट आनी गॉड.

**पद्दत :** पणसाचे घरे काडून ते शिनचे. तातूंतली भिकणां काडून, फोडून तांचे कुडके करचे. सांसवां आनी हिंगाक तेलाची फोण्णां घालचीं. तातूंत इल्लेशें उदक घालून पयलीं भिकणां शिजोवचीं. भिकणां शिजयतकच तातूंत घरे, सोय, मिरसांगेचो पिठो, हळदीचो पिठो तशेंच गॉड आनी मीठ हें सगळें घालचें आनी बरें चाळचें. तोपांत उदक घालून मंद उज्यार ही घरय शिजोवची. अर्द वरान ती उज्या वेली सकयल काडची.

घरय हो पदार्थ चड करून लग्न-मुंज कार्याक तशेंच धार्मीक सुवाळ्याक जेवणार करतात.

**- सुधा आमोणकार**

**घागऱ्यो :** पायांक पावला कडेन बांदपाची दागिनो कशी एक वस्त. ही वस्त मुखेलपणान नाच करपी नर्तकी आपल्या पांयांक बांदतात. नर्तकी जेन्ना नाचाचो पदन्यास करता तेन्ना ताचे वरवीं तालबद्ध असो घागऱ्यांचो आवाज येवन नाचाक एक नादआयाम मेळटा.

घागऱ्यो ह्यो पितुळेच्या धातुच्यो करतात. घागरी





सुर्वेक घागरेच्यो ह्यो बियो घागऱ्यां खातीर (घुंगरू) वापरताले जावंये. ताचेवेल्यान घुंगरूक घागर नांव पडलां अशेंय जावपाची शक्यताय आसा.

- सं.

हणजे वाटकुळ्या आकाराची पोकळ फळा सारकी, बोरा दे मोटायेची वस्त. तातूंत भितर ल्हव वजनाची गुटी ऱ्शी दुसरी वाटकुळी वस्त घालून ती बंद करतात. अश्यो ायेक घागऱ्यो कपड्याच्या दाटशा पट्याचेर, घागरेच्या ठासारक्या हुकांक धरून बांदतात आनी हो पटो र्तिकेच्या पायांक दोऱ्यान बांदतात.

जेन्ना नर्तकी पांयांची जमनीर हालचाल करता तेन्ना ागरेंतली गुटी घागरेचेर आदळून तातुंतल्यान संगिताचो ाद निर्माण जाता. हो नाद घागऱ्यां खातीर वापरिल्ल्या ातूंच्या आनी वस्तींच्या प्रकाराप्रमाण, खूळ, खूळ, झगी झिगी, झनक झनक असो जाता. नाचा खातीर जी ाद्यांची साथ आसता त्या वाद्यांच्या संगिताक घागऱ्यांची ूरक साथ जाता. घुंगरू, चाळ, पायल हीं घागऱ्यांची हेर ़डेनचीं नांवां आसात.

घागरी नावाचे वनस्पतीक ज्यो बियों जातात त्यो ांगांनी जाता. ह्यो सांगो सुकतकर हालयल्यो तर भितरल्यो बियों सांगेचेर आदळून खूळ खूळ असो आवाज येता. हाचे वयल्यान हे वनस्पतीक घागरी हें नांव ़डलां आसूं येता.

**घागरो :** भेंडा सकयल न्हेसपाचें चलयांचें वस्त्र. हें वस्त्र वयल्यान भेंडा कडेन बांदून सकयल तें पावला मेरेन पसरता. ताका खुपूच मिरयो (दोडी) घालता आशिल्ल्यान तें सैलपणान आंगाभोवती घोळटा. ताचो आकार हो दोनय तोंडां उक्तें आशिल्ले बालदे सारको आसता. एक अशीर तोंड दोऱ्यान भेंडाभोंवतणी आंवळून दुसरे रूंद तोंड पावलां वयर उक्तें आसता. दोनय तोंडां उक्तीं आशिल्ल्यान तें माथ्यावयल्यान वा पायां कडच्यान न्हेसूंक मेळटा. घागरो हें वस्त्र पायघोळ आसलें तरी ताका आशिल्ल्या मिरयांक लागून आनी ताच्या रूंद आवाठाक लागून तें न्हेसल्या उपरांत न्हेसतल्याचे हालचालीचेर ताची आडखळ जायना.



आदल्या काळांत सगळ्यां समाजांतल्या चलयांमदीं लग्न जाय मेरेन, घागरो न्हेसपाची चाल आसली. भेंडा सकयल सैल सो घागरो आनी भेंडा वयर सैल सो पोलको असो तेन्नाचो चलयांचो भेस आसलो. लग्न जातकच घागरो-पोलको सोडून कापड न्हेसप जातालें.

आधुनीक स्कर्ट हें वस्त्र घागऱ्याच्याच

रूपासारकें. ताचो वापरय भेंडा सकयलें वस्त्र म्हणूनच जाता आसलो तरी स्कर्टाच्या सगळ्याच प्रकारांचें घागरो वस्त्रा कडेन साम्य दिसना. स्कर्टाचे मुखेलपणान तीन प्रकार दिसतात. 1) मॅक्शी, 2) मिडी, आनी 3) मिनी. पयलो मॅक्शी प्रकार हो घागऱ्या सारको पायघोळ आशिल्ल्यान आनी ताची एकंदर मांडावळ (मिरयांचे सैलपण) घागऱ्या सारकें जाल्ल्यान हो प्रकार घागऱ्याक लागीं जाता. उरिल्ले मिडी (धोंपरा मेरेनचो) आनी मिनी (मांडया मेरेनचो) प्रकार तांच्या आंखूडपणाक लागून तशें तांच्या फिट्टपणाक लागून ते घागरो ह्या भेसांत बसना जाता. मॅक्शी प्रकारांतलो घट्ट स्कर्टय घागऱ्याचे घळघळीतपणाचे व्याख्येंत बसपा सारको ना.

घागरो हें मुखेलपणान आंकवार चलयांचें न्हेसण आसलें तरी हेर कडच्या कांय समाजांनी लग्न जाल्ल्यो बायलोय घागरो -पोलको न्हेसतात. गुजरातांत नवरात्रींच्या उत्सवाक जो गरबा नाच जाता थंय तो नाच नाचतल्यो चलयो तशो बायलो गरबाचो पारंपारीक भेस म्हणून घागरो - पोलको घालून गरबा नाचतात.

आधुनीक काळांत मिनी स्कर्ट, सलवार-कमीज, जीन पँट आनी कांय प्रमाणांत पांचवारी साडी हांचो जमानो चलता जाल्ल्यान कांय विशिश्ट प्रसंग सोडल्यार, आदल्या सारकें घागरो हें न्हेसण सर्रासपणान दिसना. आयचे धावपळीचे जिवन पद्दतींत विशेश करून वाहनांच्या वापरांत, घागरो हें पायघोळ वस्त्र आडखळीचें जाता जाल्ल्यान,चलयो सलवार-कमीज, जीन पॅण्टी सारको भेस पसंत करतात.

- सं.

**घांट :** आघात करून वाजोवपाचें आनी चड करून धर्मीक स्वरूपाचें घनवाद्य. घांटिचो आकार उमथ्या वाटयेसारको आसता. भितरल्यान एक लोळी मध्यभागार हुमकळायिल्लो आसता. ती घांटिच्या कांठार आपटून नादनिर्मणी करता.

घांटीची पयली निर्मिती पूर्व आशियांत जाली अशें इतिहास सांगता. धातुचो दाट पत्रो घेवन तुतयान धाडावन ताका गोल वाटयेचो आकार दिलो आनी घांट जल्माक आयली. तिचे कांठार भायल्या वटेन धातूच्या दांड्यान आघात करून ती वाजयताले. पयलीं घांटिचो आकार सामको ल्हान म्हळ्यार तिका सुमार 7 ते 10 सेंटीमीटर व्यासाची घेराय आशिल्ली. पूण कालांतरान हो आकार बदलत गेलो आनी व्हड आकाराच्यो घांटी प्रचारांत आयल्यो. शतमानपयलीं धाव्या शेंकड्यांत सोलोमन राजान आपल्या देवळांत भांगराच्यो घांटी बांदून घेतिल्ल्याचो उल्लेख सापडटा. उपरांत शतमानाच्या पयल्या शेंकड्यांत राजा ऑगस्टसान ज्युपिटराच्या देवळा मुखार व्हडली घांट लायिल्ली असो इतिहास आसा. बाबिलॉनाच्या वाठारांत मेळिल्ली घांट तीन हजार वर्सां पयलींची अशें शास्त्रज्ञ सांगतात. जपानातली दोताकू ही पयली ब्राँझ घांट इ. स. 300 वर्साची अशें मानतात. असल्यो घांटी शिंतो नावाच्या धर्मीक थळांच्या प्रवेशदाराचेर हुमकळायताले. तांकां बांदिल्ल्यो दोरयो ओडून भाविकांनी घांट वाजोवप आनी एक नाणे दान करप मागीर दोनदां ताळी वाजोवप आनी आपली इत्सा दैवता मुखार परगटावप. तशें केल्यार इत्सा फळादीक जाता असो समज आसा.


हुमकळपाची


हातांत धरपाची

पुर्विल्ल्या ख्रिश्चन युगांत रुप्याच्यो घांटी प्रचारांत ...ल्यो. रोमांतल्या इगर्जीच्या तळघरांत रुप्याच्यो घांटी ...ऋळायताले. त्यो वाजोवन भक्तगणांक प्रार्थने खोतीर ...यताले. धर्मीक मठांतल्यान व्हड आकाराच्यो घांटी ...पाची रीत शतमानाच्या सव्या शेंकड्या सावन चालू ...नी. पूण प्रचंड आकाराच्यो घांटी प्रचारांत येवपाक ...युग उजवाडचें पडलें.

घांटिचो इतिहास पळयल्यार कळटा कीं, घांटी ...कवार धातुंच्यो करताले. ...सादारण रीत म्हळ्यार तांबे आनी ...त हांचे 3:1 वा 4:1 ह्या ...णातलो मिश्रधातू करून घांट ...ऱ्या कडल्यान वोतून घेतात. ...ल्या वाटेन तिका हुमकळावपाची ...स्था केल्ली आसता. मदली ...ळी त्याच धातूची करून तिची ...बाय घांटीच्या कांठार आघात ...वपाची तजवीज करून थारायिल्ली ...सता. ल्हान घांटी देवळांतल्या ...रतीच्या वेळार वापरतात. पुजा ...पी दाव्या हातांत घांट आनी ...व्या हातांत आरत घेवन देवाच्या ...र्तीक उंवाळटा. पूण हेर कडानी ...बयिल्लो घांटी मात्र ल्हान - व्हड घेरायेच्यो आसतात. ...टीतल्यान फावो तो नाद येवपा खातीर घांटीची रूंदाय, ...ाय, दाटाय आनी लोळयेची दाटाय हांचे प्रमाण ...रायतात. घांटींतल्यान स्थायी स्वर (की-नोट) आनी ...पी स्वर (हम-नोट) अशे दोन नाद येतात. भारतांत ...त्र घांट पितूळ वा कांशाची आसता.

पूर्विल्ल्या सगल्या संसारांतल्या संस्कृतायेंत घांट ही ...कत एक वाद्य म्हण न्हय पूण धर्मीक साधन म्हण तिचो ...पर जायत आयला. भावार्थी आनी भक्तगणांवराबरच ...तिमानवी तत्वांक पाचारण करपा खातीर तेचप्रमाण ...त,पिशाच्च अशा वायट तत्वांक आनी असुरांक धांवडावपा खातीर घांटिचो (वाजपाचो) वापर करतात. घाडपण, लोकवैजक, संकश्टांचो परिहार आनी मनीसकुळाचें तारण करपाचे विधींत घांटिचो वापर पूर्विल्या काळा सावन जायत आयला. शेक्सपिअर (बेल, बुक अँड कँडल), गोयथे (द रोव्हींग बेल) शिलर (साँग ऑफ द बेल) अशा नामनेच्यां साहित्यिकांनी आपल्या साहित्यांत लोकमानसांत आशिल्ल्या घांटीविशींच्या पुजा कल्पनांची आनी रूढी-परंपरांची सुलूस घेतिल्ली दिसता. इजिप्तांतल्या सेंट अॅथेनीक असूर शक्ती कडल्यान सोडणूक करपाक खुरसाचेर हुमकळायिल्ली घांट कारणीभूत थारली, अशें कथा सांगता. अमेरिकेंत लिबर्टी बेल सारकी यादस्तिकां स्वतंत्रतायेच्या घांटिची याद करून दितात. चिनी दंतकथांमदीं घांटी सुकण्या सारक्यो उडपाक शकताल्यो अशे उल्लेख आसात. मध्य युरोपियन कॅथॉलिक्सांच्या गुड-फ्रायडेच्या दंतकथेंत घांटी उडत रोमांत पाविल्ल्याचें उल्लेख आसात. घांटिच्या उच्च-नीच नादावरवीं त्यो खोशयेचो वा दुख्खाचो संदेश पावयतात असो समज आसा.



हिंदू, बौद्ध, जैन आनी हेर सगल्या देवळांनी घांटिचो वापर हो खोस आनी भक्ती मनोवपा खातीर करतात. देवळांत गर्भकुडी मुखार आशिल्ली घांट वाजोवन देवाक मेळपाची रीत हिंदू देवळांत आसता. आपूण भेटेक आयिल्ल्याची देवाक जाणविकाय दिवपाक अशी घांट वाजोवपाची पद्दत आसा. हिंदू देवळांतली पुजा आनी आरती घांटी वाजयल्याबगर पुराय जायनात. म्हण देवळांत ल्हान-व्हड आकाराच्यो खूब घांटी लायिल्ल्यो आसतात. तिबेटांत लामांच्या प्रार्थना मंदिरांत खूबशा

आकाराच्यो आनी नक्षीदार घांटी आसतात. किरिस्तावांच्या इगर्जी आनी कपेलांनी प्रवेशदाराचे वयर उंचायेर घाट हुमकळायिल्ली आसता. हिदू परंपरेंत घांटिचे कांय प्रकार सांगल्यांत. मुखेल प्रकार अशे :

**1. वज्रघांट** - ह्या घांटीचेर वज्र ह्या अस्त्राची आकृती कोरांतिल्ली आसता. ती वैश्विक आनी आध्यात्मिक एकतेचें प्रतिक मानतात. 2. गरूड घाट : ह्या घांटीचेर गरूडाची आकृती कोरांतिल्ली आसता. गरूड हें विष्णूचें वाहन. ही घांट भगवान विष्णूक खूब आवडटा अशें मानतात. ही घांट सोरोप, उजो आनी जोगूल हांचेपसून वाचयता असो समज रूढ आसा. 4. स्तूप घांट - बौद्ध मुर्तीकलेंत घांटीचेर स्तुपाची आकृती आसता ताका स्तूप घांट म्हणटात. घांट ही पृथ्वी आनी आकाश हांचे मदल्या अंतराळाचें प्रतिक मानतात.

किरिस्तांवांच्या इगर्जी आनी कपेलांनी प्रवेशदाराचे वयर घांट हुमकळायिल्ली आसताच. कपेल आनी इगर्जेच्या आंवाठाप्रमाण त्या घांटीचो आकार आसता. ती घांट उंचेल्या जाग्यार (चड करून तेंगशेर) हुमकळायिल्ली आसली तरी तिच्या लोळयेक दोरी बांदून ती जमनी मेरेन हाडून सोडिल्ली आसता आनी ती थारावीक वेळार विधीप्रमाण वाजोवपा खातीर प्यादो नेमिल्लो आसता. प्रार्थना, मरण, जल्म, संकश्ट (आक्रमण, उजो, हुंवार) असल्या घडणुकांची घांट वाजोवन जाणविकाय वा सुचोवणी दितात. न्यायालयांत न्यायघंटा आसता. गोंयच्या ख्रिस्ती व्हडल्या कुटुंबांत जेवण रांदून तयार जाले उपरांत सगळ्यांक एका बराबर जेवपाक आपोवपा खातीर घांट वाजोवपाची प्रथा आसा.

गायो, म्हशी, हत्ती, घोडे, उंट असल्या पाळीव जनावरांच्या गळ्यांत घांट बांदपाची पद्दत प्रचलीत आसा. गळ्यांतल्या घांटीक लागून तांची राखण जाता असो समज आसा. गोरवां-जनावरां चरपा खातीर सोडिल्ल्या वेळार घांटीच्या आवाजा वेल्यान तांच्या राबित्याचो सराव घेवपाक सोपें जाता. पुराणकाळांतले रथ ल्हान व्हड आकाराच्या घांटीनी सजयताले. देवळांतल्या पालखेची सुंवारी वा प्रदक्षणा काडपा वेळार हेर वाद्यां बराबर घां मुजरत वाजयतात.

आतां घांटीचे काम विजेचेर चलपी यांत्रिक घांटी करतात. उजो पालोवपी दळ, ऑफिसां, घरां, कारखाने रेल्वेस्थानकां, शाळा-महाविद्यालयांनी लेगीत अश इलेक्ट्रीक घांटिचो वापर करतात.

**- डॉ. पांडुरंग रा. फळदेसा**

**घाडी (घाडीपण) :** सर्वसादारण मनीस आनी देव-देंवचार हांचे मदीं संपर्क सादपी एक मध्यस्थ व्यक्ती. लोकांचे संवसारीक प्रस्न समस्या, चिंता, संकश्टां हाचेर उपाय सोदपाक भावूक मनीस अश्या मध्यस्था कडेन वता. घाडीपण करपी व्यक्ती ताचे मुखार उपस्थित केल्ले प्रस्न ताचे पद्दती आनी ताचे भाशेंतल्यान संबंदीत देव-देवचारा कडे पावयता आनी तांचे कडल्यान कौल घेवन तो प्रस्न कर्त्याक सांगता अशी लोकांची स्रद्धा आसा. घाडीपण करपी व्यक्ती न्हावन धुवन जमनीर बसता आनी मुखा एक पाट दवरता. पाटालागीं दिवली पेटोवन दवरता देवाक, पूर्वजांक उजवात दाखोवन नमन करता. पाटा भाताचे आंशे वा घुलो दवरून घाडी एके विशिश्ट पद्दती आनी मोट्या मोट्यान हेल काडीत आंगाची लयबद्द अशें हालचाल करून देव-देंवचारांक होरायता. पाटा वयले आंशे वा घुलो मुठींत धरून तातूंतल्यो, देवस्मरण करून अचळय पाटार सोडटा आनी त्या पाटा वयल्या आशांच्या वा घुलांच्या संख्ये प्रमाण देवाच्या निर्णयांचो संकेत आपले भाशेंत दिता. निर्णयाचे आंशे प्रस्न घेवन आयिल्ल्या मनशाक कागदांत बादून दिता आनी त्या मनशाची मागणी पुराय जावची अशी देव-देवाचाराक त्या मनशाचे वतीन प्रार्थना करता. अशें करतना संबंदीत देव-देंवचाराक नाल्ल, विडो, वात, कोंबो, सोरो-रोट अर्पण करची अशी सुचोवणी दिता.

घाडीपण करप हें कांय घरांत एके पिळगे कडच्यान

पिळगे कडेन परंपरेन येता आसलें तरी घाडीपण प्राप्त
चे खातीर जी सिद्धी लागता ती साध्य करची गरज
ता. ते खातीर घाडी जावपी व्यक्तीक काय कडक नेम
पाळून वृतस्थ रावचें लागता. हें घाडीपण करपाचे
वीक दीस आनी वेळ आसता.

देवाक प्रसाद वा कौल लावपाचे पद्दती परस ही थोडी
ळे तरेची पद्दत आसली तरी प्रसाद, कौल आनी
ीपण हाचें अधिष्ठान देव-देवस्की करून आपली
ा सफल जातली हे स्रद्धेचेर आसा. घाडीपण करतना
ी आपले आंग खुदयता. हाका लागून घाडीपणाक
ी खुदोवप म्हणटात. भाताच्या आंशांचेर घाडी देवाचो
द थारायता म्हणून हाका आंशे काडप अशेंय म्हणटात.
ीपण हे घाडयाच्या घरांत वा जाका देवाचो शब्द
क जाय ताच्या घरांत करता. घरगुती प्रस्न, रोग, चोरी-
, पिशेंपण, वस्त, जनावर शेणप हे मुखेलपणान
ीपणाचे विशय आसतात.

आदल्या तेंपार घाडीपणा खातीर थारावीक अशी
ागी आसनासली. तिचे जाग्यार भात, नासणें सारकिलें
य वेवसायीक सेवा हांच्या रूपांत बिदागी दिताले.
ांत बिदागी पयशांच्या रूपांत दिवप जावंक लागली.
देव-देवस्कीच्यो लोक उपासना जश्यो काळा भायल्यो
ंक लागल्या तशें घाडीपणय आतां उणें जालां. घाडी
पाक जे नेम धर्म पाळूंक जाय ते पाळपाची आयच्या
जाची मानसिकताय ना. तशेंच घाडीपणा कडेन एक
ी स्रद्धा म्हणून पळोवपाची लोकांची विचारसरणी
ल्यान आयचे घडयेक घाडी हे लोक जिवनाचें एक
ा म्हणून पयली इतकें प्रभावी उरूंक ना.

समाजांतल्या कांय घटकां मदीं घरांतल्या मनशाच्या
ाच्या चौदाव्या दिसा घरांतले लोक घाडयाक हाडून
ल्या मनशाच्या आत्म्याची ठेवण (स्थापना) करतात.
विधी खातीर एक कुवाळो, जुवळे लिंबु, नाल्ल आनी
ऱ्या झाडांची फळां घरा भायर दवरून घाडयाच्या
ांतल्यान तीं कापतात. ते वेळार घाडी देवाचें
स्मरण करता. उपरांत मेल्ल्या मनशाच्या आत्म्याक
घरांतल्या कोणा मनशाचेर अवसराच्या रूपांत येवपाचें आवाहन करता. अवसर येतकीर मेल्ल्या मनशाच्या आत्म्याची स्थापना नाल्लार करून तो नाल्ल देवाऱ्यांत दवरतात. अपघाती मरण आयिल्ल्या मनशाच्या आत्म्याची स्थापना घरा भायर तुळशींत करतात.

- **सं.**

**घाणेकार, काशिनाथ बाळकृष्ण** : (जल्म : 14 सप्टेंबर 1932, राजापूर, रत्नागिरी, महाराष्ट्र) (मरण : 3 मार्च 1986, अमरावती, महाराष्ट्र)

कोंकणांतलो मराठी रंगमायचेवयलो संवेदनशील असो नामनेचो कलाकार. ताचो जल्म मध्यमवर्गीय, सुशिक्षीत आनी सुसंस्कृत घराण्यांत जालो. ताचें शिकप चिपळूण, पुणे, रत्नागिरी आनी मुंबय हांगा जालें. पुणेच्या एस. पी. कॉलेजात ताचें नांव घालें. हांगा शिकतना ताका नाटकां पळोवपाची गोडी निर्माण जाली. नानासाहेब फाटक हाचो नाटकांतलो अभिनय पळोवन तो इतको भारावलो की तोच ताच्या अभिनयाचो आदर्श जावन रावलो. उपरांत तो रत्नागिरीतल्यान इंटर सायन्स जालो. हांगाच म्हाविद्यालयांत आसतना ताणे 'उद्याचा संसार' नाटकांत रसुलाची भुमिका सादर केली.

1953 जे. जे. हॉस्पिटलाच्या डेंटल कॉलेज मुंबय हांगा ताच्या फुडल्या शिक्षणा खातीर नाव घातलें. ह्याच काळांत भारतीय विद्याभवना वतीन आंतर म्हाविद्यालय एकांकिका सर्त जाताली. एका वर्सा हे सर्तीचें दिग्दर्शन रामचंद्र वर्दे ह्या अणभवी मनशान केल्लें. ताणें काशिनाथाची तोंडी परीक्षा घेवन नाटकाच्या सगळ्यां बारकाव्याचें प्रशिक्षण दिवन ताची नाटकांत काम दिवपा खातीर निवड केली. कॉलेजींतल्या एकांकी सर्तींत वर्देलिखीत 'पाहुणचार' ह्या एकांकीक पयल्या क्रमांकाची ट्रॉफी मेळ्ळी आनी घाणेकाराच्या उत्कृश्ट अभिनयाक पयल्या क्रमांकाचें पारितोशीक फाव जालें.

घाणेकाराक नाटकाच्या अभिनयाचो गुरू म्हण रामचंद्र वर्देमेळ्ळो आनी तेच तरेन वर्देहाणे घाणेकाराक दोळ्या सामकार दवरून कांय एकांकी बरयल्यो. उपरांत 1957 ह्या वर्सा तो पयल्या क्रमांकान बी. डी.एस (दंतवैज) ही परिक्षा पास जालो. तेच कॉलेजींत ताका अधिव्याख्यातो म्हण नोकरी मेळ्ळी.

हॉस्पिटलाच्या क्वार्टसांत रावतना ताणे पयलेच फावट विजय तेंडुलकर हाच्या 'माणूस नावाचे बेट' ह्या वेवसायिक नाटकांत काम केलें. पूण ताचे चड प्रयोग जाले ना. हॉस्पिटलाचो क्वार्टर्स सोडले उपरांत ताणे स्वताचो ब्लॉक घेतलो आनी अध्यापकाची नोकरी सोडून ब्लॉकांतूच दवाखानो घातलो.



1962 ह्या सुमाराक ताणें निसर्गदत्त अभिनयान आनी खणखणीत आवाजांत 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' ह्या नाटकांत दोळ्यात दुकां हाडपी अशी संभाजीची भुमिका केली. ताची हीच भुमिका प्रेक्षकांच्या मनांत घर करून बसली. ह्या नाटकाचे शंबरा परस चड प्रयोग जाले. नाटकांत ताका अर्थीक लाभ जालोच आनी एक अभिजात संवेदनशील नायक म्हण तो नांवां रूपाक आयलो.

'गारंबीचा बापू' ह्या श्री. ना. पेंडसे हाच्या नाटकांत उषा किरण हे सारके नामनेचे नायिके वांगडा ताणे बापुची भुमिका केली आनी ताचे येसस्वी अशें शंबर प्रयोग केले.

कांय व्हड अशे नाटककार घाणेकार हाका दोळ्या सामकार दवरून नाटकां बरोवपाक लागले. ताका एका फाटल्यान एक अशा नाटकांनी कामां करपाक संदी मेळपाक लागल्यो.

नाटकांत केल्ल्या भुमिकांक लागून नाटकांत, चित्रपटांत काम करपी लोकां कडेन ताची इश्टागत जाली. एक लोकप्रिय नट म्हूण ताचें नांव रंगभुंयेच्या मळा[illegible] जालें.

नाटक सांबाळून ताणे 'पाठलाग', 'मधुचंद्र', 'एकटी', 'लक्ष्मी आली घरी', 'घरगंगेच्या काठी, 'अजब तुझे सरकार' ह्या मराठी चित्रपटांत काम केलें. 'दादी माँ', 'अभिलाषा', ह्या सारक्या हिंदी चित्रपटांनीय ताणे ल्हान व्हड भुमिकांनी काम केलें.

चित्रपटांत काम केल्या उपरांत तो परत नाटकां कडेन वळलो. 'मोहिनी', 'आणखी एक', 'अश्रुंची झाली फुलें' (1962), 'तुझे आहे तुजपाशी', 'इथे ओशाळला मृत्यू' (1968), 'मला काही सांगायचं आहे (1970), 'गुंतता हृदय हे' (1972), 'सुसंग' (1973), 'आनंदी गोपाळ' (1975), 'वर्षाव' (1982) ह्या नाटकांनी ताणें प्रमुख पात्रांच्यो भुमिका केल्यो. 1968 ह्या वर्सा ताणें वेवसायिक नाटकांत स्थीर जाल्या उपरांत वैजकी वेवसाय सोडून आपलो पुराय वेवसाय आपलो सहकारी डॉक्टर विद्याधर कापडी हाचे कडेन सगळ्या साहित्या सकट सुपूर्द केलो.

ह्या वर्सा वसंत कानिटकरान ताका 'इथे ओशाळला मृत्यू' ह्या नाटकांत संभाजीची भुमिका दिली. ती ताणें पयलीच्याच जोशांत केली. पूण 'रायगडाला जेव्हा जाग येते' ह्या नाटकांत संभाजीच्या केल्ले भुमिकेची उंचाय औरंगजेबाच्या जिविताचेर बरयल्ल्या ह्या नाटकांत ताका ती हाडूंक जमली ना.

'मला काही सांगायचं' मदलो राहुल, 'अश्रुंची झाली फुले' तातूंतली लाल्याची भुमिका, 'गारंबीचा बापू' हातूंतलो बापू, 'तुझे आहे तुजपाशी' हातूंतलो भोळसट

ह्या नाटकांतल्यो ताच्यो भुमिका रंगमाचयेर चिरंतर यो.

ताका, सुलोचनाताई वांगडा 'एकटी' ह्या पटांतल्या भुमिकेक राष्ट्रपती कडल्यान सन्मान ळो. (1970). मराठी चित्रपट महामंडळाचो अध्यक्ष नन जहागीरदार हाणें 'पाठलाग' ह्या चित्रपटांतल्या ा भुमिकेक पुरस्कार दिवन ताका सन्मानीत केलो. अखिल भारतीय नाट्य परिशदेचो अध्यक्ष वसंत ई हाच्या हस्ते ताका गणपतराव जोशी हो प्रतिश्टेचो ष्ट नटाचो पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो 72).

ताका रक्तदाब आनी हृदय विकार आशिल्लो. र्भाच्या भोवंडेर आसतना खर हृदय विकाराचो झटको र ताका मरण आयलें.

- सं. मं.

घाणेकार कृष्ण : पळयात → परिशिश्ट

**घाणेकार, शंकर** : (जल्म : 10 फेब्रेर 1936 चिरंदवणे, रत्नागिरी, महाराष्ट्र : 20 मार्च 1972 रत्नागिरी)

कोंकणांतलो लोकप्रिय असो मराठी रंगमाचये वयलो क. ताचो जल्म खोताच्या जेंवन-खावन सुखी शिल्ल्या घराण्यांत जालो. गांवच्या उपाध्ये बुवाचें णें आयकून ताका तिसरेच्या वर्गांतल्यान काडलो नी भिक्षुकी शिक्षण रूद्र, पवमान, हांचें पाठांतर ाक लायलें. लग्न, मुंज लावपाक तो वचपाक ालो.

बापाय कडेन जाल्ल्या वादाक लागून ताणे घर डपाचो निश्चय केलो. फुडें मुंबयची वाट धरतकूच र संगमेश्वराक आनी उपरांत चिपळूणाक रावून तो करभाऊच्या खानावळींत कामाक रावलो.

फुडें बाबुराव आठवले हाच्या 'प्रतिभा संगीत मंडळी' क कंपनींत पगाराशिवाय मेळत तें काम करपाक सुरवात केली. हातूंत प्रवेश मेळ्ळ्या उपरांत ताच्या जिणेचें एक नवें पर्व सुरू जालें.

हौशी आनी वेवसायीक नाटकांनी ताणे शंबरापरस चड नाटकांनी वेगवेगळ्यो तरेच्यो भूमिका केल्यो. 'खडाष्टक', पुण्यप्रभाव, 'भावबंधन', 'आग्र्याहून सुटका', 'बेबंदशाही' अशा पोरण्या नाटकां वांगडाच 'होनाजी बाळा', 'दुरितांचे तिमिर जावो', 'पडछाया', 'आतून किर्तन' अशा नव्या नाटकांतल्यो ताच्यो भूमिकाय लोकांक खूब आवडल्यो.

विनोदी भूमिका हें ताचें खाशेलेंपण आसलें. नाटकाचें तुळेन मराठी चित्रपटांत ताच्या भुमिकांचो चड प्रभाव पडलो ना. 'चोरावर मोर', 'शामची आई', 'जावई माझा भला', 'अधिकार', 'प्रपंच', 'वाट चुकलेले नवरे', 'तिथे नांदते लक्ष्मी' ह्या चित्रपटांत ताणें काम केलां.

तो मुंबय रावतालो. तरी वेळ मेळत तेन्ना आपल्या गांवांत वतालो. थंय ताणें देवळां, शाळा बांदपाक मदत केली. गावांतल्या कांय विद्यार्थ्यांक पदवी मेरेन शिकोवपाक मदत केली. गावांतल्या लोकांक आर्थिक मदत केली.

नाटक, सिनेमाच्या निमतान भारतभर भोवल्या उपरांत निमणें परत 'आतून कीर्तन' ह्या नाटकाचो प्रयोग रंगमाचयेर करतनांच ताका ताचे जल्मभूंय आशिल्ल्या रत्नागिरी वाठारांत मरण आयलें.

'शंकर घाणेकार हाच्या मरणान ताच्यो भुमिका विधवा जाल्यो' अशें नटवर्य चित्तरंजन कोल्हटकर हाणें म्हटलें. 'एक हासोवपी फकीर' अशी पु. ल. देशपांडेन ताची तुस्त केल्या.

ताच्या गावांतल्या सामाजीक कार्याची यादस्तीक म्हणून रसमाली ग्रामपंचायतीन गावांतल्या एका रस्त्याक 'शंकर घाणेकार मार्ग' अशें नांव दिलां. मुंबयच्या रवीन्द्र मंदिरा लागींच्या एका रस्त्याक 'नटवर्य शंकर घाणेकर मार्ग' अशें नांव दिला.

- सं. मं.

**घाणो :** तेल काडपाचें चरकाचें यंत्र. धातुचें दगडी वा लांकडी वायन, आनी त्या वायनाच्या आकारा परस मात्सो बारीक असो त्या वयनांत उबो केल्लो वाटकुळो लांकडी ओंडको. ह्या ओंडक्याक वायनांत उबो रावून, वायनांत आपले भोंवतणी घुंवपाक मेळपाची वेवस्था आसता. हो ओंडको हातान धरून वा बैलाचे मानेक दोरयेन बांदून घुंवपा खातीर ताका आडवी लांकडाची कांब आसता.

ज्या पदार्थापासून तेल काडपाचें आसता ते पदार्थ (खोबरें, मोसमी - भिकणां, तीळ, भिण्णां-बियो आनी हेर) सुकोवन वायनांत घालतात. हातान वा बैलाच्या मजतीन ओंडको घुंवडायतात. ताच्या घुंवपांतल्यान वायनाचे पदार्थ चिड्डून-पिळून तातुंतल्यान तेल येता. हे तेल वायनाक आशिल्ल्ये नळयेंतल्यान भायर सरून आयदनांत एकठांय जाता. तेल काडल्या उपरांत वायनांत उरिल्लो पदार्थांचो सुको चोथो भायर काडटात. ताका पेंड म्हणटात. ही पेंड गोरवां - खावड म्हण वापरतात.

तेल काडपाच्यो मशिनार चलपी गिरणी येयत सावन ल्हव ल्हव करून तेला-घाणे फाटीं पडले.

**कोंकणी म्हण :** घाणो घुंवडोवपाक बांदिल्ल्या बैलाचें घाण्या भोंवतणीच चलप जाता आशिल्ल्यान ताचे



बैला घाणो

हे मर्यादिचेर कोंकणीत एक ओपार घडल्या. कोणय मनी जर सदां काळ वा बरोच काळ एकेच मर्यादि भितर वावु आसत तर ताका घाण्याच्या बैलाची उपमा दितात.

तशेंच घाण्याक बादिल्ल्या बैलांक उसरपत (विमव घेनासतांना एक सारको घाण्या भोंवतणी घुंव पडिल्ल्यान मात उसंत घेनासतना काम करतल्या 'घाण्याचो बैल' म्हणप जाता.

- स

**घाण्णो :** उदक आडावपाक बांदा सार केल्ली वेवस्था. सर्वसादारण बांद ह चडसो स्थीर अवस्थेंत आसता. घाण्णो ही उदक भित भायर घेवपाची अस्थीर वेवस्था आसता. न्हंय, खाडी व झरो अशा उदक सांठ्याचें उदक आडावन, शेती बागायती खातीर वापरतात. हे कामा खातीर बांदा भित घेतिल्ल्या उदकाचें प्रमाण थारिल्लें आसता. चड वा उ जालें तर तें शेती - बागायती खातीर लुकसाणीचें जा येता. ह्या उदकाच्या प्रमाणाचें नियंत्रण घाण्णो ही वेवस्थ करता.

घाण्णो म्हणजे उदका आडवण केल्ल्या बांदाक म आशिल्लें खावटें (मेकळी आरपार सुवात) जेन्ना उद उणें आसता (चडशें बीन पावसाळी मोसमांत) तेन्ना खावटें चिखलाच्या धेंप्यानी (गुळ्यांनी) भरतात आ उदक बांदा भितर आडावन दवरतात. जेन्ना उदका प्रमाण हिसपा भायर वाडटा (पावसाळी मोसमांत), ते प्रमाणा भायलें उदक उणें करपाच्या इराद्यान घाण्ण्यां भरिल्ल्या चिखलाचो जाय तितलो भाग वा सगळ चिखल काडून उदकाक भायर सरपाक वाट करून दितात चिखल भरपा-उसपाचे क्रियेक घाण्णो भरप, घाण उसपप म्हणटात.

घाण्णो हो बांदाचोच भाग आशिल्ल्यान आनी बांद ह लोकां खातीर तशें ल्हान वाहना खातीर यो-वचपाची सो आशिल्ल्यान, घाण्ण्याच्या माथ्यार, बांदाचे समपातळ लांकडी फळें वा लाकडी तोणक्यांचेर बसयल्ली माती व

डी कमान वा आधुनीक पद्दतीन केल्ली क्रांकीटची ी(स्लॅब) बसोवन वाट तयार करतात.

घाण्याचे कल्पनेचेर आदारीत मानस ही एक अशीच क भितर-भायर घेवपाची वेवस्था. हे वेवस्थेंत बांदाचें टें चिखलान भरिनात. तर थंय लांकडी दारांची स्था करून उदक भायर -भितर घेवपाची वेवस्था नात.

दारांची वेवस्था केल्ल्यान उदक भायर सरतांना उदकां डा भायर सरपी नुस्त्यांक धरपा खातीर दारांक जाळ तात. उदकाच्या लोटा वांगडा भायर सरपी नुस्ते ह्या ळांत फारावतात. मानसेंचे वेवस्थे वरवीं उदकाच्या णाचें नियंत्रण तशें नुस्तेमारी असो दोट्टी उद्देश साध्य ना.

मानम ही वेवस्था मुखेलपणान नुस्तेमारी आनी काचें नियंत्रणा खातीर आशिल्ल्यान, मानसे वयल्यान हनांची येरादारी जायना. पूण कांय कडेन मानसेचेर क्रीटचे स्लॅब घालून तशी येरादारी करपाचीय माण्णी ल्ली आसा.

**पुरक नोंद : मानस**

**घारापुरी लेणी** : महाराष्ट्रांतले शैव संप्रदायी लेण्यांचें एक प्रसिद्द थळ. यच्या पुर्वेक सु. 11 कि.मी. अंतराचेर एका जुंव्यार शेल्लें हे थळ. हातूंत पांच लेण्यांचो समूह आसून ताका रापुरी ह्या नांवांन वळखतात. अग्रहारपुरी ह्या आदल्या वावेल्यान घारापुरी हे नांव पडलां आसूं येता. ह्या व्यार अवाढव्य असो फातराचो हती कोरायिल्लो ासा. हाका लागून ह्या थळाक एलेफंटा हें नांव दिलां. ध्या हो हती मुंबयच्या जिजामाता उद्यानांतल्या स्तुसंग्रहालयांत दवरला. एलेफंटा आनी घारापुरी अशा नय नांवांनी आज हें थळ वळखतात.

ह्यां लेण्यांचो सोद कोणें लायलो हे संबंदी सारकी ायती उपलब्ध मेळना. तेभायर हे संबंदी एकूय लिखित



घारापुरी लेणी (एक शिल्प)

पुरावो वा लेख हांगा उपलब्ध मेळना. ह्या लेण्यांत कल्याणसुंदरमुर्तीची सुमार 6 चौ. मिटरांची मूर्त आसा. ही त्रिमुर्ती मुखेल प्रवेशदारा मुखार नासून ती एका स्वतंत्र गर्भकुडींत आसा. तशेंच स्तंभशीर्षेगोल उशाच्या आकाराची आसा. तिचेर रेखीव आनी प्रमाणबद्ध नक्षीकाम कोरायिल्लें आसा. घारापुरचीं हीं शिल्पां बरे तरेन भाव प्रकट करतात. चड करून चडशीं शिल्पां शिवाच्या जिविताक निगडीत आसून तीं तत्कालीन शैवपंथीय पुनर्जीवनाची साक्ष दितात. मुर्तीच्या वयल्या भागाचें कोरीव काम बरें तरेन केलां. शिरस्त्राण त्रिमुर्तीची उंची 5.23 मी. आसून हातूंत विधाता, त्राता आनी संहारक अशीं तिनूय आंगां कोरायल्यांत. ब्रह्मा, रूद्र आनी विष्णू हांचे क्रमांक शांत, रौद्र आनी उदात्त भाव मुर्तीच्या तोंडावेल्यान दर्शन जाता. हांगा आशिल्ल्या ब्रह्मदेवाची मुद्रा पळोवंक शांत दिसता. गळ्यांत मोत्यांचो हार आनी छातयेर मोतयांचो हार. ताच्या दाव्या हातांत महाळूंग आसा. हें महाळूंग गर्भाचे प्रतीक अशें मानतात. ताचो उजवो हात तुटिल्लो आस. ताच्या मस्तकाचेर जटाभार आनी ताचेर जडावाचें काम केल्लो उंच मुकूट आमा. एकुण मुर्तीचो अविर्भाव पळोवंक उत्कृश्ट दिसता. हांगाच आशिल्ल्या विष्णूची मुद्रा पळोवंक प्रसन्न दिसता. मुकुटापोंदा कोंगऱ्या केंसांनी कान धापल्यात.

मुकूटाक मोतयांच्या माळांचो घोस आसा. तशेंच ताच्या उजव्या हातांत कमळ आसा. ह्या त्रिमुर्तीविशीं संशोधनकांनी दोन तरेन मतां उक्तायल्यांत. एक ह्या मुर्तींत बह्मा, विष्णू आनी महेश हांचे समन्वय आसा आनी दुसरें की हीं तिनूय रूपां शंकराचींच आसात. प्रसिद्द विदुषी, स्टेला क्रमरिश हिणे हीं तीन रूपां शंकराचीच म्हळ्यार महादेवाचींच आसा अशें मत उक्तायलां. घारापुरच्या त्रिमुर्तींत तत्पुरूश - महादेवाच्या दावे वटेन अघोर-भैरव आनी उजवे वटेन वामदेव - उमा हीं रूपां आसात अशें तिचें मत आसा.

मुर्तिकारांनी ह्या मुर्तीचेर कोरीव काम करतना व्हडा कल्पकतायेन आनी कुशळतायेन आपली कला वापरिल्ली दिश्टी पडटा. महादेवाच्या ह्या तिनय रूपांत बरेंच वेगळेंपण आनी तेंय ललित्यपूर्ण रितीन दाखोवन दिलां. प्रत्येकाची प्रतिकां वेगळीं, तोंडाची ठेवण, तोंडावयले आविर्भाव, मुकूटांत दोळे धांपिल्ले आसून लेगीत तांचे भाव व्यक्त जाल्ले दिश्टी पडटात. अघोर-भैरव, तत्पुरूष महादेव आनी वामदेव हांचे भाव हातूंतल्यान स्पश्ट जाल्ले दिश्टी पडटात.

मुर्तीच्या कुशीकूच पूर्व दिकेक अर्धनारीश्वराची मुर्ती आसा. उजवें आंग शिवाचें आनी दावें आंग उमेचें. हे मुर्तीचीं उंचाय 10 मी. आसा. शंकराच्या जटांमदीं चंद्रकला आसून कानाची पाळी लांब आनी तातूंत एकूच बाळी आसा. तशेंच पार्वतीच्या कानांत कर्णफुलांची जोडी दिश्टी पडटा. मुर्ती एक आसून दोनूय वटेचे भाव बरे तरेन व्यक्त जातना दिश्टी पडटात. तेभायर गरूडाच्या खांदार बशिल्लो चतुर्हस्त विष्णू, दोन दासी, मकरवाहन वरूण, ब्रह्मदेव, इंद्र आदी हांच्यो मुर्त्योपळोवपा सारक्यो कलात्मक आसात. घारापुरांतल्यो कांय शिल्पाकृती मुंबयच्या प्रिन्स ऑफ वेल्स वस्तुसंग्रहालयांत दवरल्यात.

**- सं. मं.**

**घुघूम :** एक पक्षी. तो निशाचर आनी हिंस्त्र पक्षी. स्ट्रायजिडी ह्या कुळांतल्या पक्षाक इंग्लिशींत 'आऊल' म्हणटात. मराठींत 'घुबड', हिंदींत 'उल्लू' म्हणटात. काळो आनी धवो अशे, घुघुमाचे दोन जाती आसात. तो घूऽ घूऽऽ असो आवाज काडटा म्हणून ताका घुघूम म्हणटात. घुघुमाच्या तोंडाचो आकार चेपटो आसून प्रत्येक दोळ्या भोंवतणी वाटकुळें, खोल तबकडे सारकें वलय आसता आनी ताच्या देगेरे पाखांची झालर आसता. पांखां खातीर तकली व्हडली, मोटी आनी मान आखूड दिसता. सगळीं पाखां मोव आशिल्ल्यान उडटना पाखांचो आवाज येना. पांय आखूड, घटमूट आनी गच्च पाखांनी धापिल्ले आसतात. चोंच वाकडी आसून तीं तोंका कडेन मोटवी आसतात. चोंचीचो वयलो भाग मंद (मांसाळ, मोव) आसून तातूंत नाकपुडयो आसतात. दोळे मोट्टे आसतात. तोंडा वयल्या वलयांच्या देगे फाटले वटेन कान आसून ते आकारान आनी आकारमानान सारके नासतात. ह्या आकार भेदा खातीर आवाजाचे निश्चीत सुवात समजुपाक मदत जाता. दोळ्या भोंवतणचो खोल वलयाचो भाग उजवाड आनी आवाज एकठांय करपा खातीर आनी तांचे संकेंद्रण करपा खातीर जाता. रातीच्या वेळार सावज (भक्ष्य) धरपा खातीर हाचे



ग जाता. हाच्यो सुमार 135 जाती आसून अनेक
जाती आसात. भारतांत घुघुमाच्यो 8-10 जाती
सात.

ल्हान घुघूम किडी, उंदरा पिलां आनी सवण्यां पिलांक
तात. पूण व्हडलो घुघूम सशे, कोळुंदीर, सवणीं,
रोप आदी खातात. कांय घुघूम नुस्तीं, बेबकां, कुल्ल्यो
तात. व्हडले सावज धरलें तर ताका चोंचीन चाचांवन
तात. ल्हान सावज घुघूम पुराय गिळटा. खाल्ल्या
ाचें पचन जाल्या उपरांत सावजाचीं हाडां, पाखां, केंस
ना पचपी पदार्थांचें ल्हान गुळे करतात आनी घुघूम ते
कून उडयतात. निरूपयोगी पोन्न्यो इमारती, पोकळ्यो
बुराक पडिल्ल्यो वणटी, झाडांच्यो धोली आदी
ातींनी घुघूम घोंटेर बांदतात. घोंटेर करपाक व्हडलेशें
हित्य वापरनात. तांतयां धवीं आनी वाटकुळीं
सतात.

**धवो घुघूम :** 'टायटो आल्बा' हें ताचें शास्त्रीय नांव.
डोमकावळ्यायेदो आसता. ताची फाट भांगरा
ठडुव्या रंगाची आसून ताचेर काळे धवे तिबे आसतात
ल्यार पोंदचो भाग हडडुवो धवो आनी ताचेर तपकिरी
बे आसतात.

नर आनी मादी हातूंत फरक नासता. झाडाच्या धोलींत
गेंच वणटीक आशिल्ल्या बुराकांत तण, तिरांटे वा
ांगशे आदी घालून घोंटेर तयार करतात. ह्या घोटेरांत
दी 4-7 तांतयां घालतात. तीं जोडप्यान वा एकएकटीं
वतात. आवाज किळांच मारिल्ल्या सारको आसता.

घुघूम उंदीर आनी कोळुंदीर खावपी आशिल्ल्यान तो
गी थारता.

धवो घुघूम पुराय भारतांत आसाच. तशेंच तो
ांकणांतूय दिसता.

शृंगी घुघूम आनी नुस्तें खावपी घुघूम अश्यो
घूमांच्यो दोन जाती पुराय भारतांत आसात. हो दोनूय
ाणीयेंदे आकारान व्हड आसात. मध्यान रातीच्या वेळार
घूऽ घूऽ' असो आवाज करतात. हो आवाज शृंगी
घुमाचो आसता. हाच्या दोळ्याच्या वयल्या भागाक
पिसांचे दोन तुरे आसतात. ते शिंगा सारके दिसतात.
म्हणून ताका शृंगी घुघूम नांव पडलां आसूं येता.

नुस्तें खावपी घुघूम फकत नुस्तें खाता. साळोरे येदे
ल्हान अशे हे घुघूम पुराय भारतांत दिसता. ताका 'पिंगळा'
म्हणटात.

घुघुमाक संस्कृतांत 'उलूक' म्हणटात. पुराणांत
घुघुमाक लक्ष्मीचें वाहन मानलां. हिंदू समाजांत घुघूम
दिसप वा ताचें रडप वा किळांच मारप अशूभ मानतात. तें
अनर्थाचें पूर्वचिन्न समजतात. प्राचीन ग्रीसांत घुघूम हें
शास्त्र आनी कला हांचें वास्तवाचें दर्शक चिन्न आशिल्लें.

**- सं. मं.**

**घुमट :** गोंयचें एक आदीम लोकवाद्य, शास्त्रीय नदरेंतल्यान पळयल्यार तें अवनद्ध वाद्यप्रकारांतलें एकमुखी भांडवाद्य. कोंकणांतल्या आनी गोंय शिमे वेल्या कर्नाटकातल्या गावांतूय हें लोकवाद्य वाजयतात. घुमपी घट वा घुमपी माठ अशी घुमट ह्या उतराची अभ्यासक फोडणीशी करतात. देऊळ, इमारत हांची तेंगशी म्हळ्यार घुमट. ताचें ल्हान तोंड वयले वटेन दवरल्यान देवळाच्या घुमटाचो आकार दिसता. ताका लागूनय हें नांव पडलें आसूं येता. ज्या वाठारांत हें वाद्य वाजयतात त्या पुराय वाठारांत मात्र ताका घुमट हेंच उतर प्रचलित आसा. कांय वाद्यांच्या उत्पत्ती विशीं कथा-काणयो आसता तशी ह्या वाद्या विशीं कसलीच काणी आयकुपाक मेळना.

घुमटाची साधी-सोपी रचणूक पळयतकच हें वाद्य आदीम काळासावन प्रचारांत आसा हें सांगचें पडना. मनीसकुळीच्या अतिप्राचीन संगीतप्रेमाचें दायज सांगपी जीं वाद्यां संसारांत दिसतात तातूंत ह्या वाद्याचो आसपाव जाता. दोन वेगवेगळ्या रूंदायेचीं उक्तीं तोंडां आशिल्ली मातयेची मडकी (घट) कुमारा कडल्यान करून घेतात. कुमार तो भट्टेंत भाजून दिता. व्हडल्या तोंडाच्या घेरायेचो व्यास सुमार 18 ते 25 सेंटीमीटर आसता आनी ल्हान तोंडाच्या घेरायेचो व्यास 10 ते 12 सेंटीमीटर

आसता. व्हडल्या घेरायेच्या तोंडार गाराचें (सोड्डूक) चामडें ताणून घट्ट बसोवन आडवें धरून तें हातान वाजयतात. घुमट गळ्याक ना जाल्यार खांदाक लावपा खातीर ताच्या दोनूय तोंडा कडेन दोरी बांदून वेवस्था केल्ली आसता. त्या वेडायिल्ल्या दोरयेक लागून ताणून बसयिल्ल्या गाराच्या चामड्याकूय घटसाण मेळटा. धाकटें तोंड उक्तें आसता.

घुमटाचेर गाराचें चामडें बसोवपाच्या क्रियेक घुमट मडवप म्हणटात. गाराचें चामडें सुकयिल्लें आसता. म्हण तें मोव करपा खातीर रातीन उदकांत भिजत घालतात. दुसऱ्या दिसा सुकें तण घेवन ताचे सांगाता तें चामडें पांयानी मळटात. मळटना चामड्याचेर आशिल्ली ल्हान ल्हान खवलां झडटात आनी चामडें सामकें मोव जाता. तें वस्त्रान पुसून निवळ करतात. मागीर वड, रूमड, ओटंब, केळ हांतुतल्या खंयच्याय एका रूखाचो दीख वापरून तें चामडें ताणून बसयतात. कांय जाण बाजारांत मेळटा तो गम दसोवपा खातीर वापरतात. चामडें घट्ट बसोवपा खातीर घुमटाच्या गळ्याक दोरी वेडायतात. तिचें दुसरें तोंक धाकल्या गळ्याक बांदून घुमट वाजोवप्याच्या गळ्याक वा खांदाक लावपाची वेवस्था करतात. इतल्यान मडवपाची क्रिया पुराय जाता. पूण घुमट मडयतकच चामडें पुरायेन सुक मेरेन तें सावळेंत दवरतात. उबदार अवस्थेंत तें सुकचें म्हण घुमटांत सुकें तण भरून दवरतात. चामडें पुराय सुकलें म्हणटकच घुमट वाजोवपा खातीर तयार जालें अशें मानतात. अशे तरेन मडयिल्लें घुमट वाजोवपा खातीर उत्तम अशें समजतात. कांय वेळार गारांचे ताजें चामडें घुमटार ताणून बसोवन सांवळेंत सुकयतात. ताजें चामडें बसोवन मडयिल्लें घुम सगल्यांत बरें घुमट अशें मानतात. चामड्याक कीड व जीव लागूं नये म्हणून घुमट सदांच कुडींत रात्रींव हुमकळायतात. चामड्याक धुंवर लागून ताची राख जावची हो त्याफाटलो उद्देश आसता. जेन्ना घुम वाजोवपाचें आसता तेन्ना तें काडून पुसतात आनी वाजोवपाक घेतात.



गाराचें चामडें वापरून केल्लें आनीक एक वा घुमटा सांगाताक वाजयतात. ताचें नांव म्हादळें. हें घुमटाइतलेंच आर्दीम मृदंगांच्या लांबायेचें म्हळ्या 60 ते 65 सेंटीमीटर लांबा आनी दोनूय तोंडांच्या घेरायेच व्यास 20 ते 25 सेंटीमीट आसता. ही दोनूय तोंड गाराच्या चामड्यान मडयतात

घुमट वाजोवपाची री पळोवपाक सामकी सोंप दिसता. पुण आत्ममा करपाक कठीण आसता खांदाक वा गळ्याक घालू घुमट पोटा कडेन आडवें धरू वाजयतात. उजव्या हाताचीं बोटां आनी तळटो हांचे वापर करून घुमटाच्या चामड्याचेर आघात करतात दाव्या हाताचो तळटो धाकल्या तोंडार दवरू घुमटांतल्या हवेचो दाब चड -उणो नियंत्रित करतात ताका लागून उच्चनीचता राखपाचें काम जाता.

उजव्या हाताचीं बोटां चामड्याच्या कांठा मध्यभागार आनी कांठ आनी मध्यभाग हाचे मजगत मारून, तळटो मारून, दाबून आनी घोळोवन तरेकवा बोल काडटात. घुमटाचो कांठ आनी मध्यभाग ही दोनू म्हत्वाचीं नादनिर्मणेचीं थळां. कांठा कडेन ता, त, र, व आनी मध्यभागार चड करून धी आनी ग अशें नाद का

त. घुमटांतल्यान अनुनासिक वर्ण निर्मणी जायना अभ्यासक सांगतात. घुमट वादनात तीन ठोके आनी काल मेळून एक 'ताळ' जाता.

घुमट हे निकटें एकमुळें वाद्य वाजयनात. ताचे बराबर जोडवाद्यां सांगताक आसतात. शामेळ वा शेमेळ हें नलें मुखेल जोडवाद्य. ताचे बराबर कांसाळें हें ांचें घनवाद्य आसता. देवळांतल्या जात्रा, उत्सव ी पूजा असल्या विधींच्या वेळार घुमटवादन करतना वेळार शेनाय आनी सूर वा सूर्त हांचोय सांगात सता. घुमटवादनांत उण्यांत उणे दोन घुमट वाजोवपी शामेळवादक, एक कांसाळेंवादक आसतात. टांची संख्या कितलीय आसली तरी शामेळ एकूच पता. कांसाळीं चड आसूंक शकतात. शेनाय-सूर्त मात्र कूच आसता. गोंयचे क्रिस्तांव मांडो - धुलपद गायना ार एकोडें घुमट, व्हायोलिना सांगाताक वाजोवन ताल ट) धरतात. क्रिस्तावांच्या जागरा सारक्या ककलाप्रकारांत घुमटा बराबर म्हादळें वाजयतात. दळें आसल्यार शामेळ नासता. म्हादळ्याच्या एका ार शीताचे गोटे भाजून तयार केल्लें बोण बसयतात. नी फावो त्या स्वराच्या बोलांची निर्मणी करतात. येर धरून तें दोनूय हातानी वाजयतात. पूण कांय क एकाच हातान वाजयतात. हें वाद्य तार सप्तकांतल्या मात मूळ लयीच्या चौपटीन वाजता. त्यावेळार घुमट खर्ज सप्तकांत वाजता. लांकडी कळशेचेर बकरेचें नडें ताणून बसोवन फूटभर लांबायेच्या दोन बारीक ाच्या बडयांनी शामेळ वाजयतात. कांसाळें हे दोनूय ांत दोन अर्दां घेवन एकमेकाचेर घासत आपटून जयतात.

घुमट, शामेळ आनी कांसाळें हांच्या एकवटीत नाक गोयांत सुंवारी म्हणटात. आरंभाक गावपी ाची वळ हातवारे करीत, मात्रा दाखयिल्ले भशेन खर त्यांत गायना. ताचे सांगाताक घुमट शामेळ आनी माळें हीं वाद्यां वाजपाक लागतात. गीताची वळ चडच वोवन (अस्तायेन) म्हणटात. सुंवारीचो आरंब नमनान जाता. नमनाक गणपतीचें गीत म्हणटात. 'नमीन मी देव गजानन हो' हें चड प्रचारांत आशिल्लें गीत. सुंवारी वादनात मोनी चाल, नमन, चंद्रावळ, फाग, खाणपद नावाचे वेगवेगळे वादनप्रकार आसतात. घुमटांच्या सांगातान आरती वाजोवपाचो प्रकार पुराय गोंयांत लोकप्रिय आसा. तरेकवार संतकवीनी रचिल्ल्यो वेगवेगळ्यो देव-देवतांच्यो सुंदर आरती, चाली लावन, घुमटवादनाच्या सांगातान गायतात. चवथीच्या परबे निमतान दरेक गावांतल्या गणेशमूर्ती मुखार घुमटां वेल्यो आरती म्हणपाची परंपरा गोंयांत आसा. गणपतीची आरती आनी दशावताराची आरती चड लोकप्रिय आसा. आरती वादन हें केरवां दीपचंदी सारक्या तालांचेर आदारिल्लें आसता. आरतीचो मोड जेन्ना येता तेन्ना वाजोवप्याची खरी कळाशी आयकुप्यांच्या मतींत येता. कांय गांवांनी घुमटांच्या सांगातान फुगड्यो घालपाचीय पद्दत आसा. दादले घुमटां वाजयतात आनी बायलां फुगड्यो घालतात.

वर्सासनाच्या शिगम्यांत देवळाचे चौखेर सुंवारी जाता. शिगम्याचें नाटक सुरू जावचे पयलीं ही सुवारी वाजता. कांय वेळार देवाची पालखी देवळाक प्रदक्षणा काडटा तेन्ना सुंवारी वाजता. देवाची स्वारी चालू आसतना वा स्वारीक आरंब जातना केल्लें घुमटवादन म्हळ्यार सुंवारी. अशे तरेन सुंवारी हें उतर आयिल्लें आसूंक फावता. घुमट वाजोवप्याक घुमटी वा घुमटेली आनी गीत गावप्यांक गायक व गाणेली अशीं नांवां प्रचलित आसात.

फाटल्या काळांत गोयांत घुमटवादनाचे गिरेस्त दायज आशिल्लें. पूण मदल्या काळांत सामाजिक सुदारणा आनी उद्देगीक उदरगत हाका लागून घुमटवादनाची कला उणी जायत गेली. पूण कला अकादमी सारके संस्थेन जाणवीकायेन यत्न केले. ताका लागून लोककलाकारांक सामाजीक माची मेळ्ळी. तांकां सन्मान फावो जाले. राज्य आनी राष्ट्रीय पांवड्याचेर तांची कला सादर करपाची मंद कलाकारांक मेळ्ळी. आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावेल्या उत्सवांत गांवगिऱ्या वाठारांतले कलाकार

वाटेकार जावंक शकले. कला अकादमीच्या तरेकवार लोककला उपक्रमां वांगडाच राजीव कलामंदीर, रवीन्द्र भवन, गोंय सरकारचें कला आनी संस्कृती खातें आनी हेर सामाजीक सांस्कृतीक संस्था हांच्या तरेकवार येवजण्याक लागून आतां घुमटवादनाची कला तरणाट्या कलाकारांमदीं भोव बरी लोकप्रिय जाल्या. जाणकारांनी हे कलेविशीं अभ्यासपूर्ण पुस्तकांय बरोवन उजवाडा हाडल्यांत. गाराचें चामडें मेळोवप रानवटी प्राण्यांच्या राखणेविशींच्या कायद्याआड थरता. ताका लागून पर्याय सोदपाचो वावरूय चल्ला. सिंथेटिक वस्तूंचो वापर पर्यायी थरल्यार घुमट नव्या आधुनिक रूपांत येवपाचे वाटेर आसा.

**- डॉ. पांडुरंग रा. फळदेसाय**

**पुरक नोंद : 1) आरत 2) कांसाळें 3) शामेळ**

**घुर्ये गोविंद सदाशिव :** (जल्म : 12 डिसेंबर 1893, मालवण, जिल्हा-सिंधुदुर्ग) (मरण : ---? 1983)

कोंकणांतलो आंतरराष्ट्रीय नामनेचो समाजशास्त्रज्ञ. ताचो जल्म मध्यमवर्गीय कुटुंबात जालो. सुरवातिचें शिक्षण मालवण, मुंबय हांगा जालें आनी जुनागड हांगा उच्चशिक्षण जालें. उपरांत 1918 ह्या वर्सा ताणे मुंबय विद्यापीठांतल्यान एम. ए. ची पदवी घेतली. फुडें कांय वर्सां एल्फिन्स्टन महाविद्यालय मुंबय हांगा ताणें अधिव्याख्यातो म्हण काम केलें. उपरांत तो फुडलें शिक्षण घेवपाक इंग्लंडांत गेलो. 1923 त ताणें केंब्रिज विद्यापिठांतल्यान 'पीएच.डी' ही पदवी घेतली. भारतांत परतल्या उपरांत मुंबय विद्यापीठांतल्या समाजशास्त्र विभागांत प्राध्यापक म्हण ताची नेमणूक जाली. ह्या पदाचेर ताणें निवृत्त जाय मेरेन काम केलें. निवृत्त जाल्या उपरांत थंयच प्राध्यापक म्हण ताची समाजशास्त्र



विभागांत नेमणूक जाली. निमाणे मेरेन तो थंय कार्य आशिल्लो.

ताणें भारतीय जाती वेवस्था, आदिम जमाती, तां स्वच्छंदतावादी संस्कृती, ग्रामीण जिवितांतल स्थित्यंतरां, नागरी जीण, भारतांतली वेशभुषा, कुटुं वेवस्था, नातीं संबंध, समाजीक तणाव, चालीरिति भारतांतलया संतांचें कार्य, लोकसंख्येची समस्या अश वेगवेगळ्या विशयांचेर संशोधन केलें. ह्या संशोधनाच्य अभसांत ताचें वस्तुनिश्टपण दिसून येता. तशेंच तो प्रत्ये समस्येचो मुळा मेरेन सोद घेतालो. ताका लागून ताच्य संशोधनांत नि:पक्षपातीपण हो गूण ठळकपणान जाणवत ह्या संशोधनाच्या आदारान ताणे जायते स्फुटलेखन आ ग्रंथलेखन केलें. ताचे 'कास्ट अँड रेस इन इंडिय (1932), 'अॅबॉरिजिन्स सो कॉल्ड अँड देअर फ्युच (1943), 'इंडियन कॉस्ट्यूम्स' (1951), 'इंडिय साधूज' (1953), 'फॅमिली अँड किन इन इंडो युरोपियन कल्चर' (1955), रिलिजम कॉन्शसनेस (1965), 'सोशल टेन्शन इन इंडिया' (1968) अ म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. ह्या ग्रंथांत ताची साक्षे चिकित्सक विद्वता आनी संशोधनात्मक वृत्ती दिसता ताचें समाजशास्त्रीय लेखन हें मुलग्राही आनी विचारप्रेर

ना.

ताणें युवा संशोधकांक प्रोत्साहन दिवपा खातीर डयन सोशोलॉजिकल सोसायटी' (1951) ह्या थेची स्थापना केली. हे संस्थेचो तो संस्थापक-अध्यक्ष शिल्लो. तशेंच ताणें खूब राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय था समितीचेर अध्यक्ष, उपाध्यक्ष आनी वांगडी म्हण न केलें. ताच्या मार्गदर्शना सकयल जायत्या ार्थ्यांनी संशोधन करून पी. एच. डी. ह्या पदवी तीर प्रबंध बरोवन पदवी घेतली.

विद्यापीठाच्या पावंड्यार ताणें समाजशास्त्र विशयाक ाची सुवात मेळोवन दिली. ताका लागून भारतांतलो ाजशास्त्रीय अभ्यासाचो आद्य प्रवर्तक म्हण ताचो व करता.

- सं. मं.

**घुलो दवरप : पळयात → घाडी**

**घूड :** कुकडांक, दुकरांक रावपा खातीर केल्ली बांदावळ. घरा कुशीक वेगळे ातेर वा घरांक तेंकून मागील दारा कडेन हे घूड दतात. कुकडां - दुकरांच्या आंकड्याप्रमाण घुडाचो कार दवरतात. कुंकडांच्या घुडापरस दुकरांच्या घुडाची ाय, लांबाय तशी रूंदाय चड आसता. चार मातयेच्या टीचेर नळ्याचें पाखें आनी एक ल्हानशें दार अशी डाची मांडावळ आसता. पावस, वत, दव तशेंच हेर णी (जनावरां, जिवाणीं, जीव-जंतू) हांचे पसून संरक्षण वपाच्या उद्देशान अशे घूड बांदता.

कांय कडेन घरा भितर, चडशें मागीरदारा वटेन मेकळे सोप्यां भितर कुकडां-दुकरां खातीर घुडाची वेवस्था रतात. अशा घुडांक वेगळें पाखें करिनासतना तांकां ाच्या पांख्याचो आदार मेळटा.

गोरवांच्या गोठ्या परस कुकडां- दुकरांच्या घुडाचो ाकार ल्हान उरिल्ल्यान, गोरवां सारकें कुकडां-दुकरांक चें खाण घुडांत घालिनात. तें घुडा भायले मेकळे सुवातेर घालतात.

- सं.

**घूड भरणी (देवळाची) :** एक धार्मीक विधी. हे विधींत देवळाचे गर्भकुडींतल्या कुडांत देव-मुर्तीक पुरायपणान उदकांत बुडयता. घूड भरपाची केल्ली आंगवण पावोवपाची आसता तेन्ना वा कसलेंय अरिश्ट(धाम, दुकळ) येता तेन्ना तें पयसावपाचे अपेक्षेन देवाक पुरायपणान उदकांत बुडयता. अशान देव संतुश्ट जावन अपेक्षीत फलप्राप्ती दिता, असो भावार्थी लोक विस्वास दवरतात. अशी घूड भरणी, विशेश करून वेळार पावस पडना तेन्ना पावस पडचो म्हणून करता. देवाक असो उदकांत बुडोवन संतुश्ट केलो की तो प्रसन्न जावंन पावस हाडटलो असो भावार्थ हे घूड-भरणी फाटल्यान आसा.

देवळाच्या शिखरार आशिल्ल्या घुमटाक घूड म्हणटात. पूण प्रत्यक्षांत उदकांत भरता तें ह्या घुडापोंदा आशिल्लें गर्भकुडींतलें कूड. आदल्या काळांत, देवळाची बांदावळ जमनींतल्या खणांत जाताली जावंये. तेन्ना हे घूड-भरणेंत प्रत्यक्षांत देवळाच्या घुडा मेरेन उदक भरताले आसुंये.

- सं.

**घूस : पळयात → उंदीर**

**घोटींग :** एक रानफळ. ताका घोंटी अशेंय म्हणटात. संस्कृतांत गुलघंटीका म्हणटात. ताका घोट, घोटबोर, रानबोर, रान जगम, बत्तिशी अशें म्हणटात. झिझिफस झायलोपिरस आनी ऱ्हेमनासी ह्या कुळांतलें हें झाड सुमार 2 ते 3 मी. उंचायेचें आसता. हाचीं पानां खावचे पानां सारकीं आसतात. तांचेर खावचे पानां सारक्योच रेगो आसतात. ताका फळां जातात. तीं पळोवपाक जगमा भशेन दिसतात म्हणून ताका 'रान जगम' अशें म्हणटात. हीं घोंटी मधुर, तीख,

उश्ण, अग्निदीपक, पाचक. तीं खावंक उपकारनात. पूण फळाची बी फोडून खातात.

**उपेग :** हाचीं पानां सारें म्हूण वापरतात. झाडाचें लाकूड शेतकामाचीं उपकरणां, बैल गाडयेचीं चाकां, तशेंच जळव म्हूण वापरतात.

घोटींगेचे पाळ आनी पालो गोरवांक विखाराचेर वखद म्हूण दितात. पूं जाल्ल्या घाव्याचेर घोटीचो पालो लायल्यार घावो फुटून वचून बरो जाता.

कामीण, रक्तदोश, सूज, कफ, वायू, पित्त, व्रण, खाज हाचेरूय उपेगाक पडटात.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो घेवुनूच करचे.

**- सं. मं.**

**घोंटेर :** एकाद्या प्राण्यान तांतयां घालपा खातीर आनी उपरांत तांच्यापसून जल्माक आयिल्ल्या पिलांक न्हिदोवपाक वा विसव घेवपाक, तशेंच स्वताची राखण करपाक, तयार केल्ले सुरक्षीत सुवातेक 'घोंटेर' म्हणटात. हो घोंटेर सवण्यांचो, मावलेंचो (कोळी), जिवांचो, नुस्त्यांचोय आसता. अपृष्ठवंशी (फाटिचो कणो नाशिल्ले) प्राणी, नुस्तीं,



घोटेरांत घाल्लीं तांतया

उभयचर (जमनीर रावपी आनी उदकांत रावपी), सरीसृ (सरपटपी) आनी सस्तन प्राणीय घोंटेर तयार करतात.

घोंटेर बांदपाच्या प्रक्रियेंत पयलो म्हत्वाचो पावं म्हणजे योग्य सुवात निवडप. तांतयां घालपाक वा पिल जल्माक येवचे पयलीं खंयचोय प्राणी खूब कश्ट घेव घोंटेर बांदपाची तयारी करता. सरभोंवतणची परिस्थित आनी तांतयांतल्यान भायर सरपी पिलांची स्थिती हाचेर ह तयारी अवलंबून आसता.

**अपृष्ठवंशी प्राण्यांचो घोंटेर :** हे जीव आपल तांतयां जमनींत बुराक करून पुरतात वा झाडाच्य सालीक बुराक करून रावतात.

देखीक : मुयो (दोमळे, काटमुयो), गांजीलमूम मावली (कोळी) आदी.

**पृष्ठवंशी प्राण्यांचो घोंटेर :** हातूंत सगळींच नुस्त घोंटेर तयार करनात. सायक्लोस्टोमाटा वर्गांतलें लॅप्र नुस्तें घोंटेर तयार करता. हें नुस्तें जंय निवळ उदक आसत थंय वता आनी तळाक आशिल्लो फातर हालोवन फाटी फुडें करून, खोल-वाटकुळो असो घोंटेर तयार करता.

**उभयचर :** हातूंत मोजकेच घोंटेर तयार करतात खडपापोंदा (ल्हानशा) चिखलांत घोंटेर करतात. त केन्नाय तांतयांच्या भोंवतणी पान गुठलायिल्लें आसता देखीक : बेबकांचे घोंटेर.

**सरीसृप :** हांचे घोंटेर सादे आसतात. चिखलांत व मातयेचीं बिळां करून तीं तांतयां घालतात. देखीक मानगें, जिवाणें आदी.

**सवणीं :** प्रजोत्पादनाच्या काळांत नर आनी मादिचं जोडी जमल्या उपरांत हें जोडपें घोंटेर बांदपाच्या तयारेक लागता. जे सुवातेर घोंटेर बांदपाचो आसता ती सुवात सोदपाचें काम नर करता. पूण प्रत्यक्ष घोंटेराची सुवात मादी थारायता.

तांतयां आनी पिलां सुरक्षीत उरचीं म्हणून सवणीं घोंटेर बांदतात. आपल्या चोंचीचो आनी पांयांचो उपेग करून मादी घोंटेर बांदता. पूण थोड्या जातींत फकत नर आनी मादी दोगूय हे काम करतात. सवण्यांचे घोंटेर तण, बारीक

ो, झाडांची साल, पाखां, कागदांचे कुडके, आंगशे, टे, दोऱ्याचे कुडके, कोयर, केस, तंतू आदी त्यांचो उपेग करून तयार करतात. तरेकवार सवणीं र बांदपाच्या कामांत वेगवेगळे साहित्य वापरतात.

सवण्यांचे घोंटेर वेगवेगळे प्रकारचे आसतात. कांय र सादे, तर कांय सवणीं आपलें कौशल्य वापरून ते र करतात. टिटवीचे घोंटेर सामके सादे आसता. हे गें जमनीर इल्लीशी सुवात उस्तून ते सुवातेर तणाच्यो काडयो वा 2-4 पानां दवरता आनी उपरांत तातूंत यां घालतात.

कावळो, घोण आदी सवणीं बारीक मोट्यां यांपसून घोंटेर तयार करतात. सवण्यांच्या काराप्रमाण आनी गरजेप्रमाण ते ल्हान व्हड आसून ां, इमारती आदीचेर बांदिल्ले आसतात. ह्या घोंटेराचो लो भाग वाटये सारको वाटकुळो आनी खोल आसता ी तो तण, पाखां आदी मोव साहित्य दाळून तयार ल्लो आसता.

तांबट, सुतार हांचे सारकीं कांय सवणीं झाडांच्या डांत तशेंच खांदयेंत खोल बिळां करून तांचो घोटेर गून उपेग करतात. हळडुव्यां गळ्याची रान-चिमणी, आदी सवणीं अशींच बिळां करतात. अशा प्रकारची ळां रिकामीं आसलीं तर हेर सवणीं घोंटेर म्हणून तीं रतात.

किरकिऱ्या सारकीं सवणीं न्हंय वा तळ्या देगेर शिल्ल्या मातयेचे राशींत घोंटेर करतात. हे घोंटेर द्या सारके आसता. हीं सवणीं आपल्या चोंचीन गपाचें काम करतात आनी पांयांनी माती फाटल्यान यतात. हे बोगदे कांय सें.मी. मेरेन लांबायेचे आसतात. तरल्या तोंका कडेन बोगदो बरोच रूंद आसता. ही णीं त्या बोगद्यांत तांतयां घालतात. कांय घोंटेर खलापसून केल्ले आसतात. तर कांय चिखलांत हेर ार्थ मिसळून तयार करतात. भांडीक, शीळ घालपी स्तूर, कस्तूरक मार्टीन आदी सवणीं अशा प्रकारचे टेर करतात. भांडीक सवण्यांच्यो दोन-तीन जातीं



**झाडाक हुमकळपी घोंटेर**

मदलीं एक जात चिखलाचे नळयेसारके घोंटेर बांदतात. हीं सवणीं उदकाच्या देगे वयलो चिखोल चोचींन घेवन तातूंत लाळ मिसळून तांचे गुळे करतात. आनी ह्या गुळ्यांचे एकार एक थर दवरून घोंटेर तयार करतात.

हळडी, कोतवाल, माशीपकड्या, बुलबुल, शुकिका (आयोरा), चष्मेवालो, मिनिव्हेट, खाटीक आदी खुबशीं सवणीं खांदयांचेर वाटये सारके घोंटेर बांदतात. तण, वेगवेगळे प्रकारचे तंतू, लोकरिचे धागे आदी एकेच कडेन घट्ट दसोवन हे घोंटेर केल्ले आसतात.

सूर्यपक्षी, फुलटोच्या, सुगरण आदी सवण्यांचे घोंटेर लांबते आसतात. सूर्यपक्षाचे घोंटेर उबे आयताकृती (लांबट) पिशवे सारके झिलिचे वा वेलिचे तेंगशेर लोंबकळिल्लो आसता. जमनी पसून तो कांय उंचायेचेर आसता. तण, काडी, कोयर आनी घयरांव (कापोडया घर) भायल्यांतल्यान साली आनी बारीक लाकडाचे कुडके लावन हो घोटेर तयार केल्लो आसता.

सुगरण (शेरूख) सवण्याचो घोंटेर लांबतो आसून तो पळोवंक सुंदर दिसता. हो घोटेर नर तयार करता. हे घोंटेर बाभळीच्या आनी ताडाच्या झाडा वयर बांदिल्ले आसतात. हे घोंटेर लांब गळ्याचे ओमथे चेंबू सारके आसून आनी भाताच्या रोपांचे सोलून काडिल्ले धागे , केळीचीं पातीं, काथो आदी विणून तयार केल्ले आसता. एके वटेन तो बोमाड्या सारको फुगिल्लो आसता. तातूंत

हें सवणें तांतयां घालता. दुसरे वटेन प्रवेशनलिका केल्ली आसता.

शिंपी पक्षी आपलो घोंटेर एकादे झिलीर वा झाडार बांदता. सहज रितीन दोडपी अशीं दोन-तीन पानां उबीं गुठलावन तांच्यो कडो धाग्यांनी वा घयरांवाच्या (कापोडया घर) आदारान शिवतात. ह्या पानांच्या पोकळ भागांत मोव तंतू पिंजिल्लो कापूस, वनस्पती वयली ल्हंव, केंस आनी थोडें भोव तण घालून घोंटेर तयार करतात. हे घोंटेर चड करून जमनी पसून 90-180 सें.मी. उंचाचेर आसता. म्हणून ते सहसा दिसनात. राखी रंगाचो फुटकी पक्षी केन्ना केन्नाय अशा प्रकारचो घोंटेर बांदता.

- सं. मं.

**घोड्याची जिबली :** ही फर्न जातींतली बीन फुली ल्हान वनस्पत. ही वनस्पत दुर्गाच्या मुळसणाक आनी वण्टीर उदकाची ओलसाण आसता थंय चडशी जाता. काळसार रंगाच्या खोडांतल्यान सरभोंवतणी जायते फांटे फुट्टा आनी दर एका फांट्याचेर दोनी वटेन एकामेका सामकार लांबट कात्र्या कात्र्यांनी पांचवी पानां येतात. मुळा कडेन पानाचो आकार मोटो आसता आनी तो बारीक बारीक जायत ताळा कडेन पावता. ताळा कडेन तो इतको बारीक जाता की पळोवपाक एकाच पानांचें तोंक कशें दिसता. पानांचो आकार घोड्याचे जिबले सारको आशिल्ल्यान ताका घोड्याची जिबली अशें नांव पडलां. हेर फर्ना सारकीं हीं घोड्याची जिबली वखदी वनस्पत आसा.

- सं.

**घोड्याची पावलां :** लॅटीन : Adiantum Lonulatum Burm.

हें एक ल्हान वनस्पतीचें झोप. हें बीन फुली झोप चडशें दुर्गाचे मुळसणाक आनी वण्टींचेर पावसांत जाता. काळसार खोडांतल्यान जमनी पसून चारूय वटेनीं तणाच्या आकाराचे बारीक फांटे फुट्टात. हे फांटे काळे आशिल्ल्यान ताका 'मेडन हेअर' फर्न अशें म्हणटात. एका फांट्यार दोनी वटेन एका वयर एक अशीं पात पांचवीं पानां येतात आनी दर फांट्याच्या तेंगशेर एक प आसता. हीं पानां वयर रूंद आनी देठा कडेन अश जायत गेल्ल्यान तांकां घोड्यांच्या पावलांचो आव येता. म्हणून हे वनस्पतीक घोड्याची पावलां अ म्हणटात. गौरी पुजा आनी आयतार पुजेक ताची प म्हणून वापर करतात. हे वनस्पतीचें तेल वखदी आसा.

- 

**घोडी (घडवंची)1 :** वादकाक उबो राव पखवाज, मृदंग वाजोवपा सोपें जावचें म्हणून केल्ली स्टँडा सारकी वेवस्थ वादकाच्या कमरे इतके उंचायेची एक लाकडी चौक असो तिचो आकार आसता. वयल्या भागाक वाटकुळ आकाराचें वाद्य दवरपाची अर्द गोलाकार वेवस आसता. हे वेवस्थेंत दवरिल्लें वाद्य स्थीर उरत पखवाज, मृदंग हीं दोनय पुड्यांनी (तोंडानी) वाजोवपा वाद्यां. चडशीं जमनीर दवरून आनी तांच्या फाटल्य बसून वादक वाजयतात. वाजोवपाचो काळ उणो आसत तर वादक उबो रावन गळ्यात वा खांदाक हुमकळाव वाजोवप जाता. पूण किर्तना सारक्या कार्यावळीक सा दिवपाक दीर्घकाळ अशीं वाद्यां उबो रावन वाजोव लागता. तेन्ना तीं घोडयेर दवरून वाजयतात. नातर अ दीर्घकाळ वाद्याचें वजन आंगार तोलून वाजयतां वादकाक तें कश्टाचें जाता. दर एका देवळांत वा धार्मीक सुवातींनी अशी घोडी दवरतात.

- स

**घोडी (घडवंची)2 :** एक उंच बसका. माळ्या वयलें सामा काडपाक-दवरपाक, घराच्या पाख्याकडच्या कामाक तशा खंयच्याय उंचेवयल्या कामा खातीर हे बसके वापर करतात. लांकडाच्यो चार कांबी घेवन त

ामेकांक दुसऱ्यां ल्हान कांबिनी जोडटात. ही जोडणी ले वटेन अशीर आसून तिचेर मनशाक उबो रावपाक बसपाक एक फळी बसयतात. चारय कांबिचे सकयले नचे खूर वयले बसके वटेनच्या खुरां परस चड रूंदायेन डटात. अशी सकयले वटने चड रूंदायेची जोडणी ल्यान घोडो बरे तरेन जमनीर स्थीर उबो रावता. नीर सावन वयर बसकेर चडपाक कांबीची सपणां यतात.

घोड्या भशेन चार पांयांचेर उबो रावून आपणाचेर शाक घेवपी हे वेवस्थेक घोडो हें नांव पडलां आसू ा. घोडो ही एक तरेची निसण आसली तरी सर्वसादारण मण तिच्या दोन पायांक लागून वणत वा हेर आदाराचेर ी करची पडटा. घोडो ताच्या चार पायांक लागून यचेय सुवातेर भायलो आधार घेनासतांना उबो रावूंक कता.

आधुनीक काळांत लांकडी घोड्या वांगडाच खंडी, ॲल्युमिनियम आनी तत्सम धातुपासून तयार ल्ले घोडे उपलब्ध आसात. तशेंच आदले लांकडी घोडे दोडनासले. आधुनीक घोड्यांनी दोडपाची वेवस्था ाशिल्ल्यान तांचे हाड-व्हरप सोंपें जाता.

**- सं.**

**घोडूक :** काजून बियेक ओलसाण लागली तर काजूचे बियेक कोंब फुट्टा आनी ाजूच्या फोकांतल्यान (कल्लांतल्यान) काजू गराच्यो न पाचव्यो दाबी आनी तांच्या मदल्यान कोवळ्यो ंमऱ्यो भायर सरतात आनी सकयले वटेंनच्यान पाळा ायर सरतात. हे अवस्थेक बी किल्लप म्हणटात. काजूचे ाक गराच्यो दाबी आनी कोंबऱ्यो हांचो आकार घोड्या ारको जाता आशिल्ल्यान ताका घोडूक हे नांव पडला ासूं येता.

काजुची नवीन झाडां निर्माण करपाचे पद्दतींत काजू ायो जमनींत पुरतात आनी तांकां नेमान उदक घालतात. ांय दिसांनी काजुच्या कल्ल्यांतल्यान घोडूक भायर



सरता. उपरांत काजुचे ल्हान रोपे दुसऱ्या सुवातीनी रोवन थंय ते वाडयतात.

पावस सुरू जालो म्हणटकीर काजू झाडा पोंदा पडिल्ल्या बियांक कोंब फुट्टा आनी तातूंतल्यान घोडकां भायर सरता. घोडकांतल्या बियेच्यो दाबी रूचकर आसतात. गावांतले लोक पयल्या पावसांत काजू रानांनी वचून घोडकां पुंजायता आनी घरा व्हरून निखटीं खातात वा घोडकां दाळी रोस करतात. दाबी काडल्या उपरांत उरिल्लीं रोपां सैमीक रितीन काजू पोंदा वाडटा आनी उपरांत तांची काजु झाडां जाता.

**- सं.**

**पुरक नोंद : काजू**

**घोडे मोडणी :** कोंकणांतलो एक लोकनाच. शिगम्याक जावपी ह्या नाचांत वस्त्रांनी सजयल्ले लांकडी घोडे पोटा कडेन बांदून विरांच्या भेसांतले कलाकार नाचतात. हें नाचप घोड्यांचे चाली सारकें आशिल्ल्यान ह्या नाचाक घोडे-मोडणी म्हणटात.

ह्या नाचा फाटल्यान एक इतिहासीक संदर्भ आसा. झुजामळार झुजाक वतनां ताका प्रोत्साहन दिवपाक आनी झुजांत जैत जोडल्या उपरांत झुजा मळावयल्यान परत घरा येतांना, झुजारी विरांचें स्वागत करपाची प्रथा आसली. तशेंच तांकां जैत मेळचें म्हणून गांवचे लोक तांचे खातीर देवाक गाराणें घालून तांचे वांगडा चलत तांकां गांवां शिमे मेरेन सांगात दिताले आनी उपरांत निरोप दिताले. असोच विधी घोडे मोडणीत दिसता.

घोड्या-कुडीसारको कोंड्या कांबिचो वा लोखणी सरयांचो पांजरो करून ताच्या फुडल्यान लांकडी घोड्या मुखें बांदतात. ह्या पांजऱ्याच्या मदले सुवातेर मनशाची कंबर वचपा इतकी मेकळी सुवात आसता. हे सुवातेर ताका घोडेस्वाराचे कंबरेक बांदून घोडेस्वार एका हातांत तलवार आनी दुसऱ्या हातांत घोड्याचो लगाम धरून घोड्यार बशिल्ल्या झेतान तो पावली मारता. ह्या खेळगड्याचो भेस मराठो आनी राजपूत शिपाया सारको म्हणजे आंगार सुरवार, चोळणो (रजपूत), तकलेक फेटो (मराठो) आसता. धोल, तासो, कासाळ्याचे वाद्य संगतीचेर ताचो आवेशपूर्ण नाच चलता.

हो नाच वाद्यांचे लय-गतीप्रमाण नेटा-नेटान जाता. मदीं मदीं दोन घोडेस्वार झूज केल्ले वरी तोंडान 'हर हर महादेव' म्हणत झुजा अभिनयाचो नाच करतात. ह्या नाचांत घोड्याचे चाली गतीन वचप, आपणा भोंवतणी गोल गोल फिरप तरसादी वावुडप आनी वीर जशे झुजामळार घोड्या वयल्यान झूज खेळटा असो आभास निर्माण करप हे ह्या खेळाचें खाशेलेंपण आसा.

ह्या लोक खेळाक जसो इतिहासीक संदर्भ आसा तसो ताका धार्मीक विधीचेंय आंग आसा. नाचाक आरंब करचे पयलीं कलाकार आनी गांवचे लोक देवळांत वचून



देवामुखार गाराणें घालून देवाचो शब्द (उतर) घेता
उपरांत देवामुखार दवरिल्लीं मुखीं आनी हेर भे
शिरंगारायता आनी वाद्याचें संगतीन घोडे मोडणी गांवा
शिमे मेरेन वता. वांगडा गांवचे लोक वाद्यां, ताळ्ये
तोरण, सत्र्यो, अब्दागीर घेवन नाचत नाचत वतात. गां
शिमेर नाल्ल फोडून ही मिरवणूक परतून गावांतल्
देवळांत परतता. थंय कांय धार्मीक कार्य करून हे विधीच
सांगता करतात.

- स

**घोडो गाडी : पळयात → टांगो**

**घोडो मासो : पळयात → पाणघोडो**

**घोण :** एक पक्षी. इंग्लिशींत ताका 'ईगल
म्हणटात. मराठींत 'घार' म्हणटात. मिल्ह
मायग्रान्स हें ताचें शास्त्रीय नांव. तो फॅल्कॉनिडी ह्या पक्ष
कुळांतलो.

हिची लांबाय सुमार 60 सें.मी. आसून तिचो रं
तपकिरी आसता. हिची तकली बसकी, चोंच मोटव
आसून चोंची कडचो भाग हळडुवो आसता. दो
तपकिरी, पांय मोटवे, हळडुवे आनी पाखांनी लिपिल्ले
नाकटां तोंकाद आनी काळीं, पांखां लांब आनी तोंकाद
शेपडी लांब आनी दुभागिल्ली आसता.



घोणिचो घोंटेर झाडार वयले सुवातेर खांदया मदीं
णिल्लो आसता. तो बारीक बडयो, तिराटे आदीपसून
यार करतात. मादी दोन-चार तांतयां घालता. तीं धवीं
ासतात. तांचेर गुलाबी छटा आनी तांबशे तपकिरी तिबे
ासतात.

घोण ही लोकवस्तीच्या सहवासांत रावपी पक्षी. दाट
मतीच्या गांवांत वा शारांत ती आसताच. तिची उडपाची
क्त असामान्य आसा. वरांची वरां ती मळबांत बरेच
चायेर उडत आसता वा पांखां पसरून बरोच वेळ उबत
ासता. उडत आसतना तिची तीक्ष्ण नदर सारकी जमनी
डेन आसता.

एकादो सोरोप, बेबूक, कोंबडे पील, शेड्डो वा हुंदीर
उंदीर) जमनीर दिसलो तर ती वेगान सकयल येवन तांचेर
ांपय घालून तोंकाद नाकटांनी तांकां धरून झाडार व्हरता
ानी आपले तोंकाद घट्ट चोंचीच्या आदारान चांचावन
ारता आनी खाता. तशेंच ती किडी गांयडोळ लेगीत
ाता. मनशांच्या खाणा-जेवणांतलो खंयचोय पदार्थ ती
ाता.

कावळ्याप्रमाण लोकवस्तींत सांचिल्ली घाण उणी
रपाक तिची मदत जाता. उडटाआसतना वा केन्नाय शांत
सली तर ती मदीं मदीं चींऽऽऽ हि ऽ ही, चींऽऽऽ हिऽऽ ही
अशा प्रकारचो मधूर आवाज काडटा.

ही घोण कोंकणांत चडशा वाठारांनी दिसता. खास
रून तळें आनी न्हयेच्या देगेरे दिसता.

**मोरांगी घोण** : 'फॅल्कॉनिडी' कुळांतली हे घोणीचें शास्त्रीय नांव 'हॅलिॲस्टर इंडस' आसून तिका इंग्लिशींत 'ब्राह्मणी काश्ट' आनी हिंदींत 'ब्राह्मणी चील' अशें म्हणटात. हिची लांबाय 60 सें.मी. आसता. तकलेचो, मानेचो आनी छातीपासून पोटा मेरेन धवो रंग आनी फाट आनी आंगाचो उरिल्लो भाग दाट काळपट तांबड्या रंगाचो आसता. चोंच मात्शी व्हडली, मोटी आनी निळसर रंगाची आसून तिचो तोंकाद भाग मोटवो आसता. मेंदृ (नाकपुडयो आसता तो मांसाळ भाग) हळडुवो आनी पांय पाचव्या - हळडुव्या रंगाचे आसतात. मात पुराय वाड जावंक नाशिल्ल्या पिलांचो रंग तपकिरी आसता.

नर आनी मादी दिसपाक एका सारकींच दिसतात. हो पक्षी एकटोच भोंवता. हिचो घोंटेर बारीक बडयांच्या आदारान गुंथिल्लो आसता. भितरल्यान पानां घालून मोवसाण दिल्ली आसता. हो घोंटेर चड करून उदका देगेर, वड वा पिंपळ ह्या सारक्या व्हड रूखार बांदिल्लो आसता. मादी धव्या रंगाचीं दोन तांतयां घालता. घोंटेर बांदून तांतयां घालून, पिलांचो संगोपन करीमेरेनचीं कामां नर आनी मादी मेळून करतात.

ही घोण कुल्ल्यो, बेबकां, नुस्तीं, सोरोप वा ल्हान प्राण्यांक धरून खातात. मनीस वसतेंत येवन उश्टें खाता.

**- सं. मं.**

**घोणी, घोनी : पळयात → घोण**

**घोसाळी** : (मराठी : दोडका, हिंदी : जिंगा, गुजराती : घिसोडा, कन्नड : हिरेकाई, संस्कृत : कोष्टकी, इंग्लीश : रिज्ड (रिब्ड गोर्ड, लॅटीन : लुफा ॲक्युटँग्युला, कूळ : कुकर्बिटेसी)

एक फळ वाल. तिचीं पानां सादीं, एका फाटल्यान एक आनी पांच ते सात भागांनी वांटिल्ली आसतात. पानांचें खाचींत पु-पुश्पाच्या घोसाक 10-20 फुलांची ताळी आसता. फळ 15-30 सें.मी. लांब, देंठा कडेन



अशीर आनी तोंका कडेन रूंद (फुगिल्ल्या भशेन) आसता. ताचेर धा, उब्यो घट्ट शिरो आसतात. कांय प्रकारांत ह्यो शिरो हय-न्हयश्यो आसतात. बियो चेपट्यो 10-12 मि.मी. लांब आनी काळ्यो आसतात. फळाक घोसाळें म्हणटात.

दोडकी - घोसाळी, माट्टी - घोसाळी आनी घोंस - घोंसाळी ह्यो वनस्पती एकाच वंशांतल्यो आसून तांचीं बरींच वनस्पत लक्षणां एकसारकीं आसतात.

कोंकणांत बागांनी तशेंच शेतांनी भाजये खातीर हे वालीची लागवड करतात आनी घोसाळीं बाजारांत विकतात.

हे वनस्पतीचें पीक पावसाळी आनी वायंगणी (गिमांत) अशें काडटात. खोल फोंड काडून, तातूंत भरपूर शेणाचें सारें घालून 4-5 बियो रोयतात. रोखडेंच उदक घालतात. बी किल्लतकच आळ्यांत दोन रोपे दवरून हेर रोपे काडून दुसरे कडेन लायतात. वालीक आदार दिवपा खातीर माटोव घालतात. लागवडी उपरांत सुमार देड म्हयन्यांत हे वालीक फळां येवंक लागतात. तीं तन्नीं जातकच भाजये खातीर काडटात. सुमार चार म्हयने हें पीक उरता.

**उपेग :** तन्न्यां फळांची भाजी करतात. कांय फळां कोडूय आसतात. बी वांतिकारक, कोडू आनी रेचक आसता.

बियांचे पेंडीत नायट्रोजन आनी फॉस्फरस आशिल्ल्यान सारें म्हूण तिचो उपेग करतात.

हें घोसाळें चवथीक मोटोळेक बांदतात. घोसाळ्याचीं फळां वखदी अशिल्ल्यान तीं वखदीं नदरेन उपेगी पडटात. तातूंत ल्युफिन नांवाचें कोडू द्रव्य आसता. कामीण, खोकली, पातळ परसा कडेन जावप, दोळ्यांचे विकार आदीचेर हीं कोडू फळां उपेगी पडटात.

घोसाळ्याचीं पानां मूळव्यांध (बीक), प्लिहाच्या (Spleen) दुखण्यांचेर उपेगी पडटा. ताच्या पानांचो रोस भुरग्यांक दोळे येवपाच्या विकाराचेर वापरतात. मासीक माळी बंद जावप आनी मूत्र विख रक्तताप (मूत्रपिंडाच्या कार्यांत आडखळ आयिल्ल्यान रगतांत युरियाचें प्रमाण वाडून निर्माण जाल्ली अवस्था) हांचेर पानांचो काडो दितात.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो घेवन करचे.

**रानघोसाळी :** कांय वाठारांनी ही वाल सैमीक रितीन निर्माण जाता. अशे वालीक आयिल्लीं घोसाळीं हीं चडशीं रूचीक कोडू आसतात. अशा घोसाळ्यांक रान-घोसाळीं म्हणटात. हीं फकत रानांत जातात. संस्कृत भाशेंत ताका वनकोशातकी म्हणटात. कानडींत अड.वी हिलीकाई म्हणटात. ताका खांद-घोसाळीं, सडे - घोसाळीं अशेंय म्हणटात. तीं कुकर्बिटेसी कुळांतलीं. ह्या रान - घोसाळ्यांक सिलिंडरा सारको आकार आशिल्ल्यान लॅटीनांत 'लुफा सिलिंर्डीका' नांव पडलां आसूं येता.

**उपेग :** हें रान - घोसाळें वखदी आशिल्ल्यान ताचो वखदी उपाय वातविकाराचेर करूं येता. रान घोसाळ्याचें ओलें मूळ कुटून तो रस पोटांत घेतात. सूज आयल्यार ताचें मूळ उकडून सुजेर लायतात. कान व्हांवत जाल्यार रान-घोसाळ्याचें मूळ गरम उदकांत उकडून तें उदक

ऊन कानांत घातल्यार गुणाक पडटा.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय जाणकाराचो सल्लो न करचे.

**माट्टी घोसाळी :** (मराठी : घोसाळें, हिंदी : धिया तोरी, गुजराती : तुरिया, कन्नड : हिरेकाई, संस्कृत : राज कोष्टकी, इंग्लीश : स्पंज गोर्ड, ीन : लुफा इजिप्टिका, कूळ : कूळर्बिटिसी)

माट्टी घोसाळें आनी दोडकें घोसाळें हीं एकाच जातलीं आसतात. पूण तांची कात वेगळी आसता. ट्टी घोसाळें ही एकलिंगी वनस्पत. पानांचे खाचींत यिल्ल्या तुऱ्याचेर व्हड आनी हळडुवीं 4-20 पु-पुश्पां त. पु-पुश्पांच्या तुऱ्यापोंदा स्वतंत्र देंठार एकटुकें स्त्री श्प येता. फळ लांबशें तशेंच वाटकुळें 30 ते 60 .. लेव पाचवें आनी नाजूक कातीचें आसता. ताचेर धो रेगो आसतात. पूण दोडक्या घोसाळ्या सारक्यो त्र शिरो आसना. फळा भितरलो गर जून जातकच दार जाता. बियो चेपट्यो 1 ते 1.5 सें.मी. लांब आनी ळ्यो आसतात.

**उपेग :** तन्नें माट्टी घोसाळें जेवणांत वापरतात. ह्या ाळ्याचो भितरलो काथो आयदनां घासूंक वापरतात. माट्टी घोसाळें 7 ते 10 दीस उदकांत घालून रतात. जाचे वरवीं ताची कात आनी भितरलो गर ळो जाता आनी ताचेपसून धागे मेळटात. हे धागे ड्रोजन पेरोक्साईड हातूंत प्रक्रिया करून ते वतांत कत घालतात. ह्या धाग्यांपसून हाताक घालपाचे मोजे, ाचेर आनी दारांत लावपाचे तुवाले, जोतीं आदी यत्यों वस्तू करतात. हे धागे आवाज आनी धक्के हांचे रोधक आशिल्ल्यान दुसऱ्या म्हाझुजाच्या काळांत रिकेचें लश्कर आपल्या संरक्षक कवचार (Helmets) नी दारूगुळो व्हरपाचे मोटारीचेर हे धागे लायताले. शा देशांनी ताचो मरीन स्टीम इंजीन (Marine Steam gines) आनी डिजेल इंजीन (Diesel Engines) हाचे तीर गाळणी म्हूण उपेग करतात. हाच्या बियांपसून खावपा खातीर तेल काडटात. कांय भायल्या देशांनी हें तेल कात तुकतुकीत करपाक वापरतात.

माट्टी घोसाळ्यांत घोंस घोसाळें नांवाची एक जात आसता. हे वालीचीं फळां ल्हान, वाटकुळीं आनी घोंसानी येतात. हीं फळां भाजी करपाक वापरतात. हींय घोसाळीं माटोळेक बांदतात.

**- सं. मं.**

**चकरी : पळयात → परिशिश्ट**

**चकवे :** कोंकणी लोकगितांचो एक प्रकार. चकवा हें नांव चक्रवाकावेल्यान आयलां. मैथिली, भोजपुरी, छत्तीसगढी ह्या सारक्या गितांत मेळपी चकवा शब्दाचो उगम चक्रवाकार ह्या शब्दा वेल्यान आयला. चक्रवाक पक्ष्यांची जोडी दिसभर तळ्यांत विहार करीत आसतात. रात जाली की तांकां दिसना. दोगांच्या मदीं पान लेगीत आयलें जाल्यार तांकां एकामेकांक सोदपाक जायना. ताका लागून तीं नर - मादी विरहाच्या दुखांत रातभर रडत रावतात. ह्या तांच्या आत्यंतीक विरहाच्या दुखा वेल्यान प्रेमविरहाच्या लोकगितांक चकवे म्हणपाची चाल पडली.

सामान्यतायेन हे चकवे कोळी भंडारी लोक गातात. चकव्यांचे तीन प्रकार आसात.

पयल्या प्रकाराच्या चकव्यांत व्हडेकारान आपले व्हडये कडलो मोग, खंखाळ दर्या कडेन दोन हात करपाची धिटाय ह्यो गजाली व्यक्त जातात. व्हडेकार मोगी तर व्हडें मोगीका असो अर्थ पयल्या प्रकाराच्या चकव्यांत जाता.

चकव्याच्या दुसऱ्या प्रकारांत ''पांगाऱ्याचे होडके
त्यात बसले बोडके''

ह्या सारके टिकेच्या रुपांतले, नसायेन भरिल्ले चकवे आसता.

आनी निमण्या चकव्याच्या प्रकारांत तरणाट्या-

जुवान चले-चलयांचीं मोगा गीतां आसतात. चकवे ओवी सारके दोन-तीन ओळींचे आसता.

देखी :

**1) जाय बाये जाय परमळु काय**
**मी तुजी जाय तू माजा मोगरा**

**2) चल जाऊ दोंगरा दोगांय जाणां**
**दोंगरासून येतांना जाली रात**
**केगदीच्या फुलात पेटयली वात**

छत्तीसगढ, छोटा नागपूर हेर प्रदेशांतल्या लोकांच्या तोंडात आशिल्ल्या चकवी गितांची रचणूक चकव्यावरीच आसता.

**- सं. मं.**

**चंची :** ल्हान सुती पोती. हे पोतयेचो वापर चडसो बायलां कडसून जाता आनी तिचें तोंड कमराक न्हेसणाचे किरवटीक खोवन उरिल्लो भाग न्हेसणा वयर लांबता. तिचें तोंड उक्ते -बंद करूंक तोंडा कडेन सुती दोरो गुंथिल्ल्यान, दोरो आंवळून तोंड बंद करप जाता आनी दोरो सदळ करून तोंड उक्तें करप जाता. कमराक खोंवचे पयलीं दोऱ्याची गांठ मारून तोंड बंद करतात. घरचे घरा आसतांना कांय वेळा ही चंची कमरा वयल्यान काडून कडेक दवरप जाता. तशें करतांना तिका कवळून दोऱ्यान गुठल्यान दवरप जाता. चंचीक कापडी खण करपाचीय पद्दत आसा.

आदल्या तेंपार कामकरी बायलांचे कमरेक हुमकळावपी हे पोतयेच्या खणांनी खावच्या पानाची सामुग्री (पानां, सुपारी, चुनाळ, आड-कातर, चुरो) आसताली. भाजी, फळां, नुस्तें विकपी बायलांचे कमरे वयले ही पोती हेर सामुग्री वांगडा पयशे दवरपाची पर्स कशी आसता. तेभायर गांवठी वखदां, पिंजर सारकिले जिन्नसय दवरपाक चंचिचो उपेग जाता.

आयच्या आधुनीक काळांत सर्रासपणान चंची वापरप बरेंच उणें जाल्लें आसलें तरी गांवगिऱ्या वाठारांत, विशेश करून कामकरी बायलां मदीं कमरा वयले पोतयेचो वापर आयजय जाता. आयज तांचो वापर पयशे दवरपाक जावंक लागला.

**- सं**

**चटणी : पळयात →** **परिशिश्ट**

**चट्टोपाध्याय, कमलादेवी :** (जल्म : 3 एप्रील 1903, मरण : 29 ऑक्टोबर 1988) .

एक भोव आयामी कोंकणी व्यक्तीमत्व. स्वातंत्र चळवळ, राजकारण, समाजकारण, कला अविश्का अशा साबार मळांचेर देख-घेणो वावर केल्ली क्रांतीकार बायल.

मंगळुरच्या, कोडियाल वाठारांत तिचो जल्म जालो बापायचें नांव अनंतय्य धारेश्वर आनी आवयचें नां



गिरिजाबाय. घोवाचें नांव हरींद्रनाथ चट्टोपाध्याय आनी चल्याचें नांव राम. तिचें प्राथमीक शिक्षण मंगळुरच्या कॉन्वेंटान जालें. हांगा ती सिनीयर केंब्रीज परिक्षा पास जाली. तिचे 14 वर्साचे पिरायेर तिचे मंगळुरच्या कृष्ण रायपळ्ळी कडेन लग्न जालें. लग्नाच्या वर्सा भितर कृष्णा रावाक मरण आयलें. उपरांत कमलादेवी आनी तिची मायण सगुणाक घेवन तिची आवय मद्रासाक (चेन्नय) गेली. हांगा तिचें फुडलें शिक्षण जालें. लंडनच्या बेडफर्ड कॉलेजींतल्यान तिणे सोशियोलॉजी अभ्यासक्रमाची पदविका घेतली. 16 वर्सां पिरोयेचेर 1919 त तिचें दुसरे लग्न मद्रासच्या हरींद्रनाथ चट्टोपाध्याय हाचे कडेन रजीस्टर पद्दतीन जालें.

मद्रासांत आसतांना, तिका तिचो मामा मद्रासांतलो नामनेचो वकील कल्ले नारायणराव हाच्या घरांत येवपी व्हड राजकारणी, समाज-सुदारक, स्वातंत्र्य सैनीक, विचारवंत हांचो सहवास मेळ्ळो. हातूंत गोपाळकृष्ण गोखले, सर रामकृष्ण भांडारकर, श्रीनिवास शास्त्री, सर नारायण चंदावरकर, जस्टीस रानडे, रमाबाय रानडे, तेज बहादूर सप्रू, सर शंकरन नायर हांचो आसपाव आसलो. तशेंच मद्रासांत ॲनी बेसेंट आनी मार्गारिट कसिन्स हाणी चलयल्ल्या शिक्षण आनी समाज वावराचें तिका लागीच्यांन दर्शन घडलें. हांगाच तिका तिच्या आवडीच्या संगीत आनी नाटक ह्या कलांचो आस्वाद आनी सहभाग घेवपाक वाव मेळ्ळो. एप्रील 1919 त महात्मा गांधीन मुंबयत सुरू केल्ले अहिंसात्मक कायदेभंग चळवळीक कमला, सरोजिनी नायडू वांगडा उपस्थीत राविल्ली. तेन्ना गांधीजीच्या अहिंसात्मक सत्याग्रहाचो आनी संयमी सेवा-वृत्तीचो तिचेर प्रभाव पडलो. हे फाटभुंयेचेर तिचो राजकारणी, समाजसेवी पींड घडत गेलो.

1924 त तिणे आपल्या कार्याची सुरवात, डॉ. एन. एस. हर्डीकार हाणे स्थापीत केल्ल्या हिंदुस्थान सेवा दलाची स्वयंसेविका म्हणून केली. त्याच वर्सा, महात्मा गांधीचे अध्यक्षतेखाला जाल्ल्या काँग्रेस अधिवेशनांत सक्रीय वांटो घेतलो. 1926 त मद्रासचे लेजीस्लेटीव असेंब्लीचे वेंचणुकेंत तिणे वांटो घेतिल्लो. ही वेंचणूक ती 51 मतांनी हारिल्ली, तरी तेवेळा वयली वेंचणूक लडोवपी संबंद भारतांतली ती पयली बायल आसली.

फुडल्या राजकीय प्रवासांत काँग्रेस पक्षाची सदस्य (1927), अखील भारत युवक काँग्रेस सदस्य (1928), अखील भारतीय युथ लीगची अध्यक्ष (1929), हिंदुस्थान सेवा दलाची जनरल कमांडींग ऑफीसर (1931) काँग्रेस सोशालिस्ट पार्टीच्या मिरत शारांत जाल्ल्या वर्सुकी अधीवेशनाची अध्यक्ष (1936), अखील भारतीय महिला परिशदेची अध्यक्ष (1941), अखील भारतीय हातकाम बोर्डाची अध्यक्ष (1952) अशा साबार पदांचेर तिणे काम केलां.

राजकीय मळार काम करतांना तिका जायते फावट बंदखण जाल्या. मिठाचो सत्याग्रह(1930-31) असहकार चळवळ (1932 - 34), क्वीट इंडिया चळवळ (1942 - 44) हो तिणे भोगिल्ले बंदखणीचो काळ आसा.

तिणे राजकारण, बायलां, कामगार, कला अशा विशयांचेर परदेसांत भारताचें प्रतिनिधीत्व केलां. तातूंत इंग्लंड - अमेरिकेंत भारताच्या स्वातंत्र्य संग्रामाची थंयच्या लोकांक वळख करून दिवप (1939 -41), एडनांत आंतरराषश्ट्रीय सभेंत बायलांचे सबलीकरण, (1964) सेनेगल आनी डकार देशांत कला प्रदर्शनांत मार्गदर्शन (1967), हांचो आस्पाव आसा.

तिच्या योगदानाचो जायत्या संस्थां कडल्यान भोवमान जाला. तातुंतले मुखेल भोवमान अशे आसात :

1) भारत सरकाराचो पद्मभुशण पुरस्कार (1955) 2) वाटुमल प्रतिश्ठान पुरस्कार (1962), 3) शांती निकेतनचो देशिकोत्तम पुरस्कार (1970), 4) भारत सरकारान स्वातंत्र्य झुजा खातीर ताम्रपत्र दिवन केल्लो भोवमान (1972), 5) भारत सरकाराचो पद्मभूशण पुरस्कार (1972), 6) रेमोन मॅगसेस पुरस्कार (1972), 7) संगीत नाटक अकादमीचें रत्न सदस्यत्व (1974), 8) युनेस्को पुरस्कार (1977), 9) भारत

सरकाराची पद्मविभुशण पुरस्कार (1986), 10) बनारस हिंदु विश्वविद्यालयाची मानद डि.लिट (1986), 11) आंध्रप्रदेश कलावेदिकेचो कला सरस्वती पुरस्कार (1986).

- **सं. मं.**

**चणो :** (मराठी : वाटाणा, हिंदी : चना, संस्कृत : वृत्तांग, लॅटीन : पायसम् सॅटीव्हम, कूळ : पॅपिलीओनेसे)

एक कड्डण वनस्पत. हें वर्सुकी वनस्पतीचें रोंप ल्हान आसता. ताची उंचाय सुमार 45-60 सें.मि. आसून जातीप्रमाण हें रोंप उबें आनी पसरट वाडटा. चण्याच्या रोंपाचें मूळ जमनींत 30 सें.मि. भितर वता आनी हेर चार उपमुळां जमनींत पातळटात. ह्या उपमुळांचेर बारीक बारीक फोड येतात. तातूंत हवेंतलें नत्र सांठोवन तें रोंपाक दिवपाची तांक आसता. ताचें मुखेल कांड वाटकुळें आसता आनी हेर ताळयो चौधारी (quadri angular) आसतात. पानां संयुक्त, पाखां भशेन आसून दरेक पानाक 6 मि.मी. लांब आनी 4 मि.मी. रूंदायेचीं बारीक वाटकुळीं पानां आसतात. पानांचे खाचींत 2.5 ते 4 सें.मी. लांब, गुलाबी, तांबशीं, निळशीं, एकोडीं फुलां येतात. तशेंच तीं धव्या, निळशा, पाचव्या कोराचींय आसतात. तांचो संकर तांचे भितरूच जाता. हे वनस्पतीक 2.5 सें.मी. लांब आनी 1 सें.मी. रूंद सांगो येतात आनी तातूंत एक वा दोन चणे आसतात. तांचो रंग आनी आकार जातीप्रमाण थारता. ही वनस्पत लेंग्युमीनेसी ह्या कुटुंबांत पडटा. सायसर ही ताची जात आसून ओरिएटीनम ही ताची उपजात.

**प्रकार आनी जाती : 1) देशी वा काफेरंगाचे चणे (सोनयाळे चणे)** : हे जातीचे चणे काफये रंगाचे वा हळडुवे आसतात. ह्या चण्यांचो आकार ल्हान आसून चोंची कडेन तांकां मिरयो आसतात. तांच्यो रोंपयो मोटव्यो आसून तांकां ताळयो येतात.

**2) काबुली चणे :** ह्या चण्यांचो रंग धवो आसून ते मोटे, वाटकुळे आनी धवे आसतात. तांच्यो रोंपयो ऊंच वाडटात. देशी चण्यापरस हांचें उत्पन्न उणें येता.

3) वाटाणे चणे : हे चणे आकारान वाटकुळे आसत आनी हांची साल सुळसुळीत, तुकतुकीत आसता. कोंकणांत ह्या चण्यांचो चड वापर जाता. तेभायर चण्याचे हेर जायत्यो जाती भारतांत दर एका राज्यांत तयार केल्यात.

**उपेग :** चणे हें मनशाच्या आहारांतलें एक बरें कड्डण आसा. चण्यांत 21.2 टक्के प्रथिनां, 61.5 टक्के कार्बोहाइड्रेट्स आनी 4.5 टक्के चरबी आसता. तशेंच तातूंत कॅल्शियम, लोह आनी नियासीन हीं पोशकद्रव्यांय आसतात. जेवणांत तशेंच खाण्यांत चण्यांचो बेसबरो वापर करतात. हे चणे खतखत्यांत, चण्या उसळ आनी चण्यां भाजयेंत (रोस) वापरतात. चण्यांची दाळ करून ताचेपसून मणगणें, पुरण आदी गोडशें तशेच हेर पदार्थ करतात. चण्यांच्या पिठापसून (बेसनापसून) बेसनलाडू, भजीं सारके तरांतरांचे पदार्थ करतात. चण्याच्या रोंपयाचें कांड वा ताळयो जनावरांचे खावडीक उपकारता. वडापुनवे दिसा धवे चणे हेर फळांच्या फोडीं वांगडा, हरवेच फुगयल्ले दोण्यांत घालून दितात. हळदी कुंकमा वेळार कांय बायलां काबुली चणे उकडिल्ले वांटतात. खोर्नांत, रेवें वांगडा सोनयाळे चणे भाजतात. ते ल्हायां भशेन फुलतात. गोंयां सयत कोंकणांत अशे भाजिल्ले चणे जात्रा-फेस्तांनी विकरेक आसतात. हांगा जायते चण्याचे मांड पडटात.

**कोंकणी म्हण :**

**1) चण्या झाडार चडोवप :**

कोणाय कडल्यान चड काम करून घेवपाचें आसता तेन्ना ताका फुसलायता (नसती तोखणाय करता). हे तोखणायेक चडोवप म्हणटा. चण्या झाड ल्हान आसता. ताचेर ताका चडयलो म्हणटकीर आपूणाक व्हडलो केलो म्हण तो भुल्लुसता आनी चडयतल्याचें चड काम करता,

ासो हे म्हणी फाटलो भावार्थ आसा.

**2) चणे आसल्यार दांत ना, दांत आसल्यार चणे ा** : चणे खातलो तर दांत आसूंक जाय. ते नासत तर चणे ावंक मेळना. जेन्ना दोन गजाली एकमेकांक धरून ासता तेन्ना तांचो वापर करतलो तर त्यो दोनय एकठांय ासूंक जाय. देखीक : पयसो आसता पूण तो ोगपासारखी भलायकी नासता, वा विद्या आसता पूण ांचो वापर करपाची सुविधा नासता तेन्ना ही म्हण ापरता.

**चणेकार :** भाजिल्ले चणे विकपाचो वेवसाय करपी मनीस. जात्रा-फेस्तांनी बारीक बारीक ानसांची जायते जाण विक्री करतात. रेवड्यांची विक्री ारपी रेवडेकार, खाज्याची विक्री करपी खाजेकार, ोदाची (सोडा-वॉटर) विक्री करपी सोदकार, गिरगिरीं ाकपी गिरेगिरेंकार. तशेंच भाजिल्ल्या चण्यांची विक्री ारपी चणेकार.

एक धाकटुलें दोडीचें मेज. ताचेर धवो कपडो आनी ापड्यार भाजिल्ल्या चण्यांच्यो राशी. मेजा फाटल्यान ाबो रावन, लाकडी मापांनी मेजून आनी मेजिल्ले चणे ागदाच्या पुड्यांनी बांदून दिवपाचें काम चणेकार करता.



**चणे-भिकणांचो मांड**

हे चणे एक तर घरा कडच्यान भाजून हाडटात वा जात्रा-फेस्ताचे सुवातेर, चण्यांच्या मांडा लागीं भाणा पासून (व्हडलें मातयेचें आयदन) तयार केल्ल्या खोर्नांतले रेवेंत भाजतात.

जात्रे-फेस्ताक वतकच घरा परतनांना थोडे तरी चणे घेवन घरा वचपाची आदीं सावन रीत आसा. हे चणे घरा व्हरून जात्रे - फेस्ताचें खाशेलें खाण म्हणून घरच्यांक वांटप जाता. आयज हेच भावनेन लोक चणे घेतना दिसतात.

हालींसरा चण्यां वांगडाच भाजिल्ल्या मोसमी भिकणांची विक्री जाता. चणे आनी भिकणां एकठांय खावपाची रूच निर्माण जाल्ल्यान आतां दोनय खाणां एकठांय विकपाचो चणेकार वेवसाय करतात.

जशीं थारावीक घरां खाजें वा रेवड्यो विकपाचो पारंपारीक वेवसाय करीत आयल्यां तसो चणे विकपाचोय वेवसाय पारंपारीक रितीन चलता.

गोंय सरकारान खाजेकार, चणेकार सारकिल्ल्या पारंपारीक ल्हान वेवसायिकांक अर्थीक पालव (मदत) दिवपाची येवजण 2001 पासून चालीक चायल्या. ह्या पालवांतल्यान चणेकारांक तांच्या वेवसायाक लागपी साधन-सामुग्री घेवंक तशें वेवसायाक उपकारक उपाय घेवंक आदार मेळटा.

**- सं. मं.**

**चंदन** : मराठी : चंदन, हिंदी : सफेत चंदन, गुजराती : सुखड, कन्नड : श्रीगंधा, संस्कृत : चंदन, इंग्लीश : व्हाइट सँडलवूड ट्री, लॅटीन : सँटॅलम आल्बम.

मध्यम आकाराची सुमार 600 ते 1050 मी. उंचायेचे जमनीर वाडपी ही वनस्पत. सकयल लोबकळपी खांदयो, साल,काळी, खडबडीत आनी ताचेर सरळ चिरो आसतात. हाचीं पानां सुमार 4.7 सें.मी. लांब आसतात. लांब तुऱ्यावरीं, लेव जांबळ्या रंगाची फुलां जातात. सुमार 6. मि. मी. जांबळ्या, काळ्या रंगाचीं आनी रसाळ अशीं गोल आकाराची फळां जातात. रक्तचंदन आनी

लालचंदन अशें चंदनाचें दोन प्रकार आसात. हे परिचित वनस्पतीच्या वंशांतल्या सुमार 25 जातींचे रूख भारतांतले द्विपकल्पी भागांत सापडटात. ह्यो सगळ्यो जाती दुसऱ्या वनस्पतींच्या मुळांतल्यान आपल्या मुळां वरवीं नायट्रोजन आनी फॉस्फरस आदी अन्नशोषण करतात. म्हूण तांकां (Partial parasites) अर्धजीवोपजीवी म्हणटात.

चंदनाची लागवड करपा खातीर झाडापोंदचीं सुकीं फळां एकठांय करतात. पावसाळो सुरू जातकच ह्या फळांतल्यो बियो काडून किल्लत घालतात. तशेंच तांचे वांगडा आदारी झाडाच्यो बियो घालतात. जशीं कडूलिंबू, सायल, निलगिरी, बोर आदी. चंदनाचे झाड ह्या दुसऱ्या झाडांचो आदार घेवन जियेतात. सुमार 8 ते15 दिसांनी बियो किल्लून येतात. एका वर्सान रोंपां 20-30 सें.मी. उंचायेची जातात. धा वर्सांनी झाडांची उंचाय सुमार 10 मी. जाता. आनी मागीर मध्यकश्टाची (heart -wood) वाड जावपाक लागता.

चंदनाच्या झाडाक 'स्पाइक' नांवाच्या रोगाचो उपद्रव जाता. हो रोग जाल्यार पानां हळडुवीं जातात. मुळां कुसतात, खांदयो बावन सकयल हुमकळटात आनी कांय काळान झाड मरता.

गोंयांत हालींच रानखात्यान ह्या झाडाची लागवड करपाक सुरवात केल्या.

सोंपत्या पावसांत तयार जाल्लीं झाडां मुळापसून खणून काडटात. ह्या मुळांचो वापर तेल काडपा खातीर करतात. जाल्यार चंदनाच्या लाकडांच्या भुशापसून तेल आनी धूप तयार करतात. भुसो आनी तेलाचो वापर उजवाती खातीर मोट्या प्रमाणांत जाता. लाकूड आनी तेल हांचो आयुर्वेदीक वखदां खातीर उपेग करतात. देवाच्यो मूर्ती, पेटयो, डबयो, खेळणी, दातोण्यो ह्या सारकिल्ल्यो हस्तकलेच्यो वस्तू तयार करपा खातीर चंदनाचें लाकूड उपेगाक पडटा.

देवपुजेंत चंदनाच्या गंधाचो वापर जाता. चंदनाच्या झाडाच्या पानांपसून मेण तयार करतात. भाजून दुखापत जाल्ल्या जाग्यार चंदनाचें गंध लायतात. तकली दुखल्यार कपलाचेर आनी दोळ्यांच्या पातयांचेर गंध लायतात. बियांतलें तेल कातीच्या रोगांचेर वापरतात.

**- सं. मं.**

**चंदर जोत** : चान्या भशेन उजवाड (जोत) घालपी दारवेची कांडी. पेटले उपरांत धवो फुल्ल उजवाड दिवपी विशिश्ट प्रकारची दारू, कागदी नळयेंत भरून, नळयेची दोनय तोंडां बंद करतात. एका तोंडा कडेन उजो लावन दुसरें तोंक हातांत धरून चंदरजोत आंगापासून पयस धरची पडटा. चंदर जोतीतले दारवेन पेट घेतकच ती धवो फुल्ल असो घसघशीत उजवाड दियत रावता. रातच्या वेळार देवळाचे पालखे मुखार चंदरजोती पेटोवपाची पद्दत देवळांनी आसा. चंदरजोतीचो उजो खड्यांचो तसो खर आशिल्ल्यान पालखे मुखार पेटपी नारंगां (सुरसुरी) बाण, सुदर्शनां, सारकिलो फोग (दारूकाम) पेटोवपाक तिचो वापर जाता.

चंदरजोतींत विशिश्ट प्रकारचे दारवेचो उपेग जाता आशिल्ल्यान ती जळतांना निर्माण जावपी उग्रवासाचो व्हड प्रमाणांतलो धुंवोर भलायकेक अपायकारक आसता.

गर्नाल, बाण, सुदर्शनां, नारंगा सारकिलें दारूकाम (फोग) तयार करपी फोगेरी चंदर जोती तयार करतात.

**- सं.**

**चंदावरकर नारायण गणेशराव :** (जल्म 2 डिसेंबर 1855, होनावर कर्नाटक, मरण 14 मे 1923, बेंगळूर)

नामनेचो राजकारणी, न्यायाधीश आनी शिक्षणतज्ञ. हें घराणें मुळचें चंदावरचें. ताचो आजो विठ्ठलराव कायकिणी हो एक धर्मनिष्ट, सात्वीक मनीस आसलो.

ताचें प्राथमीक शिक्षण होनावरचे मिशनरी शाळेंत जालें. ताच्या मामान, शामराव विठ्ठल कायकिणीन ताका मुंबय,



ाझगांवांच्या सँट मेरी हायस्कुलांत घालो. थंय ताणे 869-73 मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत 1871 त तांणे स्कृत हो विशय घेवन एलीफस्टन स्कुलांतल्यान ट्रीक्यूलेशन केलें. 1881 त ताणे एलीफस्टन ॉलेजींतल्यान कायद्याची एल. एल. बी. परिक्षा पास ली. ताच्या स्कूल शिक्षणाच्या काळांत ''उत्तम विद्यार्थी'' 1906) आनी कॉलेजींत आसतांना 'विद्या वाचस्पती' शी ताची तोखणाय जाली.

एलीफस्टन कॉलेजींत ताका महादेव गोविंद रानडे, फिरोज शाह मेहता, काशिनाथ तेलंग, डॉ. भंडारकर अशा ानेस्तांचो सहवास मेळलो.

ताचें लग्न हुबळिचे उद्येजक श्री शिरूर हांची धूव क्ष्मीदेवी वांगडा जालें.

पदवी परिक्षा पास जातकच ताणे वकिली सुरू केली. ाचो मामा शामराव विठ्ठल मुंबयंत आनी ताचो भाव ाषगिरी राव कारवारांत प्रसिद्द वकील आसले. तांचे ारायणाक मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. 1901 तो ायकोर्टाचो न्यायाधीश जालो.

आपले बारा वर्सांचे कारकिर्दीत ताणे एक न्यायप्रिय ्यायाधीश आनी उत्तम कायदे पंडीत अशी नामना जोडली. उपरांत तो इंदूरचो प्रधान जालो. 1897 त तो मुंबय युनीव्हर्सिटी बार काउन्सीलचो अध्यक्ष जालो. 1909 त ताची बाँबे युनीव्हर्सिटीचो व्हाईस चान्सलर म्हणून निवड जाली. 1910 त ताका ब्रिटिशांचो प्रतिश्टेचो नायट हूड हो किताब फाव जालो. 1900 त लाहोरच्या नॅशनल काँग्रेस अधिवेशनाचो तो अध्यक्ष आसलो. 1888 त गिरगांव वॉर्डांतल्यान बॉम्बे म्युनिसिपाल कॉरपॅरिशनचो तो वांगडी म्हणून वेंचून आयलो.

1885 त पार्लमेंटाचे पुनरचणुकेच्या वेळार, हिंदुस्थानाची न्यायी मागणी, आनी हांगची सामाजीक वेवस्था हांचे संबंधी, इंग्लंडच्या मतदारांक कळोवणी करपा खातीर बंगाल सावन मनमोहन घोष, नारायणराव मुदलियार आनी मुंबयच्यान नारायणराव हांकां इंग्लंडाक धाडिल्ले.

ते वेळार हिंदुस्थानांतल्या लोकांच्या आशा-आकांक्षाची जाणीव ताणे प्रभावीपणान करून दिली. ताणें थंयच्या लोकांच्या मनांत भारतिया बद्दल सहानुभुती निर्माण करपांत येस जोडलें. थंयच्या वर्तमानपत्रांनी नारायणरावाच्या मतांक उत्स्फूर्त प्रसिद्धी दिल्ली. हे भोंवडेंत ताचे कडल्यान परदेश गमन (समुद्रपार) घडलें मणून ताच्या समाजान (चित्रापूर सारस्वत समाज) ताचेर बहिश्कार घालो. पूण ताणे ताची पर्वा केलिना. तशेंच बहिश्कार काडचो म्हणून प्रायश्चिताचो आयिल्लो प्रस्तावय ताणे न्हयकारलो.

प्रार्थना समाजाचो अध्यक्ष आसतांना ताणे विधवा-विवाह, अस्पृश्यता - निवारण आनी हेर समतावादी चळवळिंनी वांटो घेतलो. ताच्या सुरवेच्या वावरांत, 'इंदुप्रकाश' हे प्रत्रिकेचो संपादक आसतांनाय ताणे भारतीय समाज सुदारणा, युवा पिळगेक राजकीय प्रेरणा अशा विशयांचेर प्रभावी लेखन केलां. ताची विद्वता, ताचे विचार आनी ताचें कार्य पळयल्ल्यां भारतीय तशें परदेशी लोकां मदीं ताचे बद्दल व्हड आदर आसलो.

**- श्री अरूण एस उभयकर**

**चंदावरकर भास्कर :** (जल्म : 16 मार्च 1936, होनावर, कर्नाटक, मरण 26 जुलय 2001, पुणे-महाराष्ट्र)

एक नामनेचो सितारवादक आनी प्रयोगशील संगीतकार. हाचें कॉलेज शिक्षण पुणेच्या वाडिया आनी फर्ग्यूसन कॉलेजांत जालें. ताणें गायनाच्या शिक्षणान सुरवात करून उपरांत सितारवादनांत, पंडित रविशंकर आनी उमा शंकर मिश्रा हांचे कडल्यान शिक्षण घेतलें. ताणे भारतीय संगीत आनी पश्चिमी संगितांचो समन्वय जोडून, भारतीय नाटक, सिनेमांनी ह्या समन्वया वरवीं संगितांचे आगळे अशे येसस्वी प्रयोग केले. 1965 - 1980 ह्या काळांत पुणेच्या फिल्म आनी टेलिविजन संस्थेंत संगीत अध्यापनाचें काम करतांना ताणे त्या काळांतल्या थ्रोबिनक्रिसल, मेजबो आनी सोनीक यूत हांच्या सांगातान हे संस्थेंत पश्चिमी संगिताचो अभ्यास आनी प्रयोग घडोवन हाडलो. ताका जाझ संगिताची आवड आसली.

विजय तेंडुलकर लिखीत आनी जब्बार पटेल दिग्दर्शित, 'घाशीराम कोतवाल' ह्या मराठी नाटकाक ताणें दिल्ल्या प्रायोगीक संगिताची खूप तोखणाय जाली. ताच्या संगितान ह्या नाटकाच्या सादरीकरणाक एक आगळी उंचाय हाडली. ताणे कन्नड, मराठी, मल्ल्याळम, हिंदींतल्या फिल्मांक संगीत दिवन त्या फिल्मांचें नांव व्हड केलें. ताणे संगीत दिल्लीं फिल्मां आनी मराठी नाटकां अशीं आसात :

फिल्मां :

वंशवृक्ष (1971- कन्नड), आदोनोंदुकालदल्लि (1978 - कन्नड), पारोमा (1984 - मल्ल्याळम), सर्वसाक्षी (1978 - मराठी), अक्रीत (1981 - मराठी), एक डाव भुताचा (1982- मराठी), मायामृग (1985 - मराठी), रावसाहेब (1986 - मराठी), जय जवान, जय मकान (1972 -हिंदी), माया दर्पण (1972 - हिंदी), जादुका शंख (1974 - हिंदी), अरवींद देसाई की अजीब दास्तान (1978 - हिंदी), आल्बर्ट पिंटो को गुस्सा क्यूं आता है (1980 - हिंदी), खंडहर (1984 - हिंदी).

मराठी नाटकां : कालाय तस्मै नमः, घाशीराम कोतवाल, नक्षत्रांचें देणे, येरे येरे पावसा, अग्नी जल, अजब न्याय वर्तुळाचा.



ताणे संगिता संबंदी सादरीकरणीय व्याख्यानां दिवपाक पूर्व आनी पश्चिमी देशांनी भोंवडी केल्या. जर्मनी भाशेंतल्यान संस्कृत नाटकाच्या जाल्ल्या सादरकीकरणाक संगीत दिवपाक ताका जर्मन सरकारान आमंत्रीत केल्लो. ताका महाराष्ट्र सरकाराचें संगीत दिग्दर्शनाचें पारितोशिक आनी संगीत नाटक अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला.

**- डॉ. गीता शणै**

**चपाती :** गंवाच्या पिठाची भाजून केल्ली पातळ भाकर. गंवाचें पीठ उदकान कालोवन तें हातांनी बरें मळून घेतात आनी ताच्यो ल्हान ल्हान गुळयो करतात. गुळी लाटफळ्याचेर दवरून ती तोणयेन वाटुकळी लाटतात. लाटफळ्याक तशें तोणयेक ओलें पीठ दसचें न्हय म्हूण गुळयेक गंवाचें सुकें पीठ रेवडायतात. चपाती लाटपाचीं आतां धातूचीं उपकरणां

यल्यात. बरी लाटिल्ली चपाती अचळ तशाक तशी ब्रलून मंद उज्यार तापिल्ल्या तव्यार आरतून-परतून नय वटांनी भाजून काडटात. चपातेक मोवसाण आनी न येवची म्हणून तुपाचे थेंबे भाजतांना वा भाजल्या बर लायतात.

चपाती हो भाकरेचोच प्रकार आसलो तरी भाकर ही ट आसता आनी ती गंव, तांदूळ, नाचणो, ज्वारी वा घळो अशा धान्याच्या पिठाची करूं येता. आनी रूची तीर म्हणून भाकरेंत कांदो, मिरसांग घालतात. चपाती कत गंवाच्या पिठाची करतात आनी तातूंत आनीक सले पदार्थ घालीनात. भाकर, रोटी हे पदार्थ तव्यार जतात आसले तरी कांय कडेन हे खासा पद्दतीन लींतल्या जळट्या इंगळ्यांचेरय भाजतात. चपाती मात व्यारच भाजून काडप शक्य जाता. भाकर हें एकोडें गण. चपाती ही चडशी दुसऱ्या खाणांत (भाजी) बुडोवन तात.

- **सं.**

**चंपे : पळयात → चाफो**

**चर्च : पळयात → इगर्ज**

**चर्च संगीत : पळयात → संगीत (कोंकणी)**

**चरखो :** सूत कांतपाचें एक साधन. मराठींत चरखा, तर इंग्लिशींत स्पिनींग - हील (Spining-wheel) म्हणटात.

कापूस, रेशीम, लोकर हांचेपसून सूत काडपाचें ाधन. चरख्याचो सोद केन्ना लागलो आनी विकास कसो ालो हाची सारकी म्हायतती मेळना. भारतांत ब्रिटीश मल (सत्ता) येवचे पयलीं चरख्याचो वापर जातालो. . स. 1500 मेरेन चरख्याचो विकास जालो. तेचपरी तूंत राष्ट्रपिता महात्मा गांधी हाणें बरींच सुदारणा केली. 918 मेरेन देशांत जे चरखे वापरताले ते खड्या पद्दतीचे आशिल्ले. 1918 त साबरमती आश्रमांत खड्या चरख्याचेर सूत काडपाक शिकयताले. 1921 त काँग्रेस महासमितीन 20 लाख चरखे तयार करपाचो प्रस्ताव मांडलो. 1923 त भारतीय खादी मंडळ स्थापीत जालें. पूण चरख्याच्या रचनेंत कसलोच बदल जालो ना. 22 सप्टेंबर 1925 दिसा अखिल भारतीय चरखा संघाची पाटणा हांगा स्थापना जाली. 1923 त नवे पद्दतीचो चरखो तयार करपा खातीर ह्या संघावरवीं 5,000 रुपयांचें इनाम भेटोवपाचें थारलें पूण तातूंत येस आयलें ना. 1929त गांधीजीच्या सुचोवणेप्रमाण चरखो तयार करपा खातीर चरखो संघान एक लाख रुपयाचें इनाम दवरलें. पूण ह्या सुचोवणेप्रमाण चरखो तयार करपाक शक्य जालें ना.

चरखो वापरपाक सोपो जावपा खातीर ताच्या आकारमानांत बदल करपाच्या नदरेन प्रयत्न जाताले. खड्या चरख्याचो प्रकार, जो शेतकरी चरखो, तातूंत सुदारणा जाली. ताचेर गांधीजी आपूण स्वता सूत कांतपाचें काम करतालो. शेतकरी चरख्याचें पेटी चरख्यांत रूपांतर करपाचें श्रय गांधीजीक वता. हें कार्य ताणें येरवडा बंदखणींत केलें. ह्या चरख्याक येरवडा चरखो अशेंय म्हणटात. खड्या चरख्या सारकोच कोंड्याचो (बांबूचो) चरखो सतीशचंद्र दासगुप्त हाणें तयार केलो. शाळेंत विद्यार्थ्यांक शिकोवपा खातीर तशेंच प्रवासांत कांतपाचें काम करपा खातीर प्रवासी चरखो तयार केलो पूण ताची गती शेतकरी चरख्यापरस उणी आशिल्ली. सूत काडपाची गती आनी ताची घटसाण ह्या नदरेंतल्यान शेतकरी चरखो उत्तम आसलो, तरी गांवगिऱ्या वाठारांनी खडा चरखोच लोकप्रिय आशिल्लो. गांधीजीच्या मरणा उपरांतूय चरख्यासंबंदी संशोधन आनी प्रयोग चालूच आशिल्ले.

तमिळनाडूंत एकंबरनाथ हाणें 1949त एक नवो चरखो तयार केलो. एकंबरनाथ हाच्या स्मरणार्थ ह्या चरख्याक अंबर चरखो अशें नांव दवरलें.



महात्मा गांधी चरख्याचेर सूत कातताना

**पारंपारीक चरखे :** भारतांत वेगवेगळ्या भागांत तरेकवार चरखे वापरतात. तातुंतले खडा चरखो, शेतकरी चरखो आनी पेटी चरखो हे म्हत्वाचे आसात.

**खडा चरखो** हो एका चातीचो (चक्र घुंवडावपाक केल्लें लांकडाचें वा लोखणाचें उपकरण.) आसून ताका हातान घुंवडावपाचें 40-60 सेंमी. लांबायेचें एक चाक आसता. हें चाक सुती पट्ट्यान उबें जोडिल्लें आसता. ह्या चरख्यांतल्यान उणें उत्पादन आनी व्हड आकारमान हे दोश पयस करून **शेतकरी चरखो** तयार केलो. ताका दोन चाकां आसून तातुंतलें मुखेल चाक 20 से.मी. लांबायेचें आनी गती वाडोवपी चाक 10 सें.मी. लांबायेचें आसा. हीं चाकां एके फळयेर बसयिल्लीं आसतात. दोन सुती पट्ट्यांनी मुखेल चाक चातीक जोडिल्लें आसता. सूत कांतताना चाकां जमनीक समांतर आसतात. ह्या चरख्यान खड्या चरख्या परस चड सूत येता.

**पेटी चरखो**, एके पेटींत बसयल्ले आसून ती विजागेरच्या (जोडो आदारान उगडटा वा बंदूय करपाक मेळटा. हो चरखो वेगवेगळ्य आकारमानांत मेळटा. **प्रवासी चरख** हो सगळ्यांत ल्हान चरखो जाव आसा.

**अंबर चरखो :** चरख्यांचो हो प्रका नवो आसून तातूंत चार चाती आनं हातांन चलोवंक येवपी लांकडी कांतपाचें चाक आसून तीन लांकडी कापट्यो आसतात. ह्या कापट्यांचेर 2 3 आनी 4 खांची आसतात. दर एक कापटी मुखेल चाकाक सुती पट्टेन जोडिल्ली आसता. ह्या चरख्यांतल्यान चार चातींच कडो, पनेळ केल्ले चार दंडगोल, दंतचक्रांची एक जोडी, स्प्रिंगी आदी. भाग धातुचे आसून धातुच्या दंडगोलाचेर बसयिल्ले रबरी दंडगोलाच्यो चार जोडयो आसतात. चाती दर मिनटाक 7,000 - 9,000 फेरे इतक्या वेगान घुंवता. कापटे वयल्यान एका खाचेंतल्यान दुसऱ्या खांचेच्या पट्टेक कुशीक काडून सुताचो क्रमांक (आकारमान) बदलूंक मेळटा. ह्या चरख्या कडेन एक



जण संयंत्र (धुनाई मोडिया) आनी पेळूंचें एक संयंत्र अंबर बेलनी) संलग्न आसतात. पयल्या सयंत्रांत एके ांचियुक्त कापटेक पट्ट्यांच्या आदारान एक लांकडी क जोडिल्लें आसता. कापटेक लागून कथिलाचे आरे ायिल्ल्या एका लांकडी दंडगोला वटेन रूई वता. जेन्ना क घुंवडायतात तेन्ना दंडगोल अतिवेगान घुंवता आनी द्रोत्सारी (केंद्रापासून पयस धुकलपी) प्रेरणेन तंतू भायर नात आनी ते एका सरयेच्या पेटयेंत पडटात. ही पेटी डगोलाक जोडिल्ली आसता. बेलनी ही पोलादी डगोलांच्यो दोन जोडयांनी तयार केल्ली आसता. तांकां प्रगांच्या आदारान भार लायिल्लो आसता. पोंदचो डगोल पनेळी आसून वयले दंडगोल रबरानी धांपिल्लें ासतात. पिंजण सयंत्रान कापूस मेकळो केल्या उपरांत सैलसर सुरांत रूपांतर जाता आनी तें एका दंडगोलांत कठांय करतात. ह्या चरख्याक लागून भरड आनी मध्यम त येता. पारंपारीक चरख्यापरस ह्या चरख्यापसून पटीन सूत येता.

वर्धा हांगा खादी आनी ग्रामोद्योग मंडळाच्या संशोधन स्थेन आनी हेर कार्यालयांनी केल्ला संशोधनाक लागून ंबर चरख्याची कार्यक्षमता वाडल्या. वर्धा हांगा मनालाल बजाज सेंट्रल रिसर्च इन्स्टिट्यूट ह्या संस्थेन ंबर बेलनी आनी अंबर चरखो हातूंत बरीच सुदारणा ल्ली. तशेंच अंबर चरख्याची कार्यमता वाडोवपा खातीर हमदाबाद टॅक्सटायल इंडस्ट्रीज रिसर्च असोसिएशन अतिरा), मध्यवर्ती कापूस समितीची मुंबय हांगा योगशाळा आनी कानपूर, सरोमपूर आदी सुवातेच्यो शोधन संस्था हांणीय संशोधन केलां. अतिरा ह्या संस्थेन गळ्या सेवा संघाच्या पालवान सगळ्या प्रकारच्या ापमांचो वापर करपा संबंदान प्रयोग केले. सगळ्या सेवा ंघाची प्रयोग समिती आनी कोईमतूर हांगाचे टॅक्सटायल ंपनी हाणें नवो अंबर चरखो तयार केला. ताका स चाती ासून तो धातुपसून तयार केला. हो चरखो सध्या ोईमतूर आनी राजकोट' ह्या दोन प्रकारांत वापरतात. 968-69 अखेर 189 केंद्रांत 4,555 कोईमतूर प्रकारचे अंबर चरखे वापरताले. ताचे वयल्यान सुतापसून 20.78 लाख चौ. मी. कपडो तयार करताले.

फाविल्ल्या वेळांतलो एक जोडधंदो म्हणून आनी एक ग्रामीण उद्देग म्हूण महात्मा गांधीन चरख्याक म्हत्व दिल्लें. भारतांतल्या नॅशनल काँग्रेस पक्षाच्या बावट्यार (ध्वजार) एका काळार चरख्याचें चित्र आसलें.

आयच्या आधुनीक काळांतले प्रगत वस्त्रनिर्मिती मुखार कुटुरोद्योगांतलो हो चरखो फाटीं पडला.

- **सं. मं.**

**चरू घालप** : एक धार्मीक विधी. दसरो, पौश म्हयनो वा शिगम्या उपरांत चरू घालपाची पद्दत आसा. चरू म्हणजे तांदळाचें शीत शिजोवन त्या शिताचे गोटे देवळा भोंवतणी आनी गांवांच्या शिमे भोवतणी शिपडटात. चड करून गांवांतल्या जल्म्या कडच्यान हो चरू घालपाचें काम जाता. कांय कडेन हो चरू बोकडो वा कोंबो कापून तांच्या रगतांत भिजयतात. चरू शिपडटना ताच्या वांगडा धोलक्या सारकें वाद्य म्हार वाजयता. कांय कडेन जल्म्या वांगडा गांवचो मुखेली आनी देवळी वता. गांवच्या शिमेची राखण देव-देवचार करतात. गांवां भायले कितेंय अनिश्ट गांवांचे शिमेर पावले तर ताका थंयच्या थंय परतितात. वाऱ्या सुत्राक शिमेरच आडावन दवरता, असो समज आसा.

अश्या ह्या देव-देवचारांक संतुश्ट करपाच्या उद्देशान हो चरू घालप जाता. म्हणून ह्या चरू-विधीक शिमे दाळणी वा गड दाळणी म्हणटात. चरू घाल्या उपरांत देव-देवतांक गांवांची राखण करची म्हणून गाराणे घालतात. चरूचो विधी हो रातचो जाता आनी ते वेळार गांवचे लोक घरा भितरच रावप पसंत करतात. कुणबी लोक आसाडी पुनवेच्या राती कोंब्या रगतांत भिजयल्लो चरू गावां शिमेर शिपडटात.

- **सं.**

**चवथ :** कोंकणांतली हिंदू लोकांची एक व्हड परब. भाद्रपद शुद्ध चतुर्थी आनी पंचम अशे दोन दीस ही परब मनयतात. हे परबेक गणेश पुजेक लायता म्हणून तिका महाराष्ट्रांत गणेश चतुर्थीय म्हणटात. गोंयांत फकत चवथ म्हणटा.

श्री गणेश म्हणजे गणपतीचो जल्म भाद्रपद शुक्ल (शुद्ध) चवथीक जाल्लो अशें मानतात. पुराणांत तसो उल्लेख मेळटा. म्हणून हे तिथीक गणेशाचे पुजेची चवथ मनयतात.

शिगमो, दिवाळी आनी चवथ ह्यो कोंकणांतल्यो व्हड उमेदिच्यो परबो. तातुंतल्या तातूंत चवथ ही चड उमेदिची. कारण कोंकणांत सर्रासपणान दर एका घरांत चवथीक गणेश पुजेक लायता. दिवाळी आनी शिगमो ह्यो भौशीक स्वरूपाच्यो परबो. चवथीक घरांतच देवाची मूर्त पुजेक लायता जाल्ल्यान, हे परबेचें अप्रूप हेर परबां परस आगळें जाता. दोनय दीस घरांत पूजन-भजन-आरती, धालो-फुगडी, गोड-धोड जेवण-खाण, फोग मारप, कामा निमतान घरापासून पयस रावपी घरच्याचें घरात आयिल्ल्यान जाल्लें कुटुंब संमेलन, अशा सामाजीक-सांस्कृतीक उपक्रमांनी हे परबेक उत्साही आनी उत्सवी रूप येता.



गणपतीची आरती.

चवथ दोन दिसांची आसली तरी बरेच कडेन चवथी आदले दिसा तय (तृतिया) मनयता. तये दिसा महादेव - गौरी पुजेक लायता. महादेव आनी गौरी म्हणजे पार्वतीची प्रतिमा (फोटू, चित्र) पुजेक लायता. कांय कडेन गणपतीचे पुजे पयलीं गणपतीचो बापूय (महादेव) आनी आवय (गौरी) पुजेक लावन तांचो मान राखता. तये दिसा गोड-धोड जेवण करतात. ते दिसा घरांतल्यो बायलो उपास करता. गोंयांत हें पुजेक तय, गवर (गौरी) पुजा म्हणटात. तर कोंकणांत हरितालिका पुजा म्हणटात.

चवथी दिसा वा आदले दिसा, गणपती खातीर मखराची आरस करता. मखरा मुखार वयले सुवातेर फळां, पानांची माटोळी बांदता. ह्या फळां-पानांमदीं रानवटी फळां-पानांचो चड आसपाव आसता. कारण गणपती हो मुळात राना वनांत रावपी लोकांचो देव आसलो अशी कल्पना आसा. चवथी दिसा, गणपतीची चिकणमातयेची मूर्त हाडून तिची मखरांतले चवायेचेर स्थापना करता. गणपतीच्या पायां कडेन उंदुल्लेची ल्हानशी मूर्ती आसता. गणपतीची मूर्त उदेंत, अस्तंत वा उत्तर दिकेक तोंड करून बसयता. स्थापीत केल्ले गणेश मुर्तिची षोडशोपचार पुजा करता. हे पुजेंत षोडश, म्हणल्यार सोळा उपचार, देवाक ओंपतात ते अशे :

आवाहन, . आसन, पाद्य, अर्ध्य, आचमन, स्नान, वस्त्र, यज्ञोपवीत, गंध, पुष्प, धूप, दीप, नैवेद्य, प्रदक्षणां, नमस्कार आनी मंत्रपुष्प. हे पुजेंत गणपतीच्या धा नांवांचो आसपाव आशिल्लो मंत्र म्हणून ताका एकवीस दुवा (हरयाळी) अर्पण करता. ह्या धा नांवांत गणाधित, उमापुत्र, अधनाशन, एकदन्त, भवक्त्र, मुषकवाहन, विनायक, ईश-पुत्र, सर्वसिद्धीप्रदामक आनी कुमार गुरव हांचो आसपाव जाता.

गणपती पुजेक लायल्या उपरांत ताचे मुखार आरत दाखयता. हाका आरती करप म्हणटा. कोंकणांत ह्यो आरती भौशीक स्वरूपाच्यो, म्हणजे वाड्या वयले लोक एकठांय जावन घरोघरी आरती करतात. घरांतलो मनीस पाटार उबो रावून पंचारत, फुलवात-आरत, जोडव्या

त. कापरा-आरत अशो एका फाटल्यान एक आरत
यता. तेन्ना गांवांतले आनी घरचे लोक आरती-गितां
ांच्या तालार म्हणटात. ह्या आरती-गितांमदीं
रतीची आरत, म्हादेवाची आरत आनी दुर्गेची-आरत
लपणान आसता. आरती गीतां सोंपतकीय नमन
टात. आनी ते वेळार आरत दाखोवपी कापरा-आरत
क दाखयता. आरती करपाचे दोन तरेचे वाद्य प्रकार
ात. एक घुमटां आरत आनी दुसरो पखवाज -पेटी
त. घुमटां आरतींत एक वा दोन घुमटां, एक शामेळ
ी एक कासाळें अशीं वाद्यां आसतां. ह्यो आरती
्या चालिच्यो आसता. पखवाज-पेटी आरतींत एक
वाज, एक पेटी आनी दोन ते चार टाळ आसता. ह्यो
ताई चालिच्यो आरती आसता. आरती जातकीर
ल्ल्यांक प्रसाद म्हणून पंचखाद्य, फळां-फोडी वाट्टात.
ो दिसाक दोन फावटी (दनपारां आनी रातची) आरती
ना.

दुसरे दिसा (ऋषी पंचमीक) सांजची गणपतीची उत्तर
ा करता. ते वेळार गणपती मुखार गाराणें घालून देवाचो आशिर्वाद मागता. उत्तरपुजा जातकीर गणपतीचे मुर्तीचें विसर्जन करता. हें विसर्जन, न्हंयेंत, तळ्यांत, दर्यांत करतात. जंय अशो सुविधा ना थंय ते घरचे बांयंत करता. मुर्त दर्यांत बुडयतांना मुर्ती वांगडा शिदोरी म्हणून बियां लाडू, शिजयल्ली भाजी वा धंय बांदून दिता. गणपती विसर्जना पयलीं गवरीचें विसर्जन (गवर पावप) करता. कांय कडेन आरत्या प्रमाण, विसर्जनय सामुदायीकपणान भजन करून करतात.

चवथीक पुजेक लावन पंचमीक पायता त्या गणपतीक देड दिसाचो गणपती वा देड दिसाची चवथ म्हणटा. कोंकणांत चडशा प्रदेशांत ही देड दिसाची चवथ मनयता. कांय गांवांनी तिसालाची चवथ आसता. ह्या तिसालाप्रमाण दर तिसरे वर्सा सगळ्या गांवचे गणपती पांच, सात वा णव दीस पुजपाची प्रथा आसा. कांय कडेन दर वर्सा पांच दीस चवथ मनयता. कांय लोक पांच, सात वा णव दीस चवथ करपाची आंगवण करता. आनी आंगवणीची फलप्राप्ती जातकीर, आंगयल्ल्या प्रमाण पांच, सात, णव दीस गणपती दवरता.



गणपती विसर्जन



माटोळी

उपरांत सुरू जाले. राश्ट्रीय एकचार आनी राश्ट्र भक्ती हे उद्देश नदरेमुखार दवरून सुरू केल्ल्या ह्या भौशीक गणेशोत्सवांनीं, मूळ उद्देश कुशीक उरल्या आनी थंय आतां झगझगीत मनोरंजनाचेर चड भर दिल्लो दिसता. तातुंतल्या तातूंत एक बरी गजाल घडल्या. अशा भौशीक गणेशोत्सवाच्या आयोजनांत कांय कडेन हेर धर्मांतले लोक सहभागी जावंक लागल्यात. हेर धर्माच्यो सांस्कृतीक कार्यावळी ह्या उत्सवांनी जावंक लागल्यात.

महाराष्ट्रांत पेशव्यांच्या राजवाड्यांत सार्वजनीक गणेशोत्सव मनयताले. ह्या सांस्कृतीक उपक्रमाची बसका आशिल्ल्या गणेशोत्सवाक 1894 त लोकमान्य टिळक हाणे राश्ट्रीय जागृताय करपी राश्ट्रीय उत्सवाचें रूप दिलें. ताणे ईकरा दिसांचो भौशीक गणेशोत्सव सुरू करपाची प्रेरणा दिली. ह्या इकरा दिसांनी कथा, किर्तनां, प्रवचनां, व्याख्यानां, भजनां सारक्या माध्यमांवरवीं, भारतीय जनतेचो एकवट आनी देश-भक्ती सादपाचो संकल्प दवरलो. गणेशोत्सवावरवीं, लोकांच्या धार्मीक चालीरितींक, सामाजीक अधीष्ठान दिवन लोकशिक्षण सादपाची मोख दवरली. तेन्नाच्यान आदीं शारांनी आनी उपरांत गांवांनी लेगीत सार्वजनीक गणेशोत्सव सुरू जाले. सद्याक महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटकाच्या कोंकण प्रदेशातं व्हड संख्येन आनी व्हड उमेदीन सार्वजनीक गणेशोत्सव मनयतात. देशाच्या हेर राज्यांनी आनी परदेशांनी, जंय कोंकणांतले लोक रावता थंय, अशे भौशीक (सार्वजनीक) गणेशोत्सव मनयतात. गोंयांत अशे उत्सव गोंय स्वतंत्र जाले

चवथी संबंदी एक कथा आसा आनी तिचो पाळो लोक आजय करतात. चवथीचे राती कडेन चंद्र पळयतल्याचेर चोरिचो आळ येता असो समज आसा. हे संबंदी कथा सांगता ती अशी :

एक दीस गणपती आपलें वाहन आशिल्ल्या उंदरार बसून वतालो. व्हड देहाचो गणपती ल्हान देहाच्या उंदरार बशिल्लो पळोवन चंद्राक हासूंक आयलें. तेन्ना गणपतीन रागान 'तुजें तोंड लोक पळोवचे नात' असो चंद्राक शाप दिलो. शापाक लागून चंद्राचें तेज ना जालें. तो काळो पडलो. तेन्ना चंद्रान माफी मागून गणपती कडेन उःशाप मागलो. तेन्ना 'चवथी दिसा तुजें तोंड कोण पळोवंचो ना. पळयतलो तो त्रासांत पडटलो.'' असो गणपतीन उःशाप दिलो. चवथी दिसा चंद्राक पळयल्यार चोरयेचो आळ येता. ह्या समजा फाटल्यान ही कथा आसा. चुकून कोणेय चंद्र पळयल्यार ताणे रोखडेंच कोणाच्या तरी पोरसांतल्यो वाली हुमटुंच्यो, म्हणटकीर चोरयेचो आळ येवचोना असोय एक समज लोकांमदीं घोळटा.

कोंकणांत घरोघरी गणपती पुजता जाल्ल्यान, आनी बरेच कडेन कुटुंबाचो रासवळ गणपती आसता जाल्ल्यान

नायांक लागून घरा भायर रावपी घरचीं मनशां, चवथी तान एकठांय येतात, रावतात, जेवता-खातात, परब तात. हाका लागून घरात एक कुटुंबीय संमेलन घडटा, गयच्या धांवपळिच्या काळांत दुर्मीळ जावंक लागलां.

- **सं.**

**पुरक नोंद : 1) गणपती, 2) गवर 3) तय**

**चंवरी :** नील गायेच्या केंसांचो तुरो. हो तुरो चांदिचे मुळींत बसयता. हातभर लांबायेची ोकाम केल्ली चांदिची नळी करून तिच्या एका पोंताक स अशे तरेन बसयतात की केसांचें एक तोंक मुठींत नी दुसरें तोंक मुठीभायर उरून तांचो तुरो कसो सारो) आकार जाता. चांदिचे नळयेचें एक तोंक ांत धरून वावुडलें म्हणटकच दुसऱ्या तोंका कडलो हालता आनी ते वरवीं तुऱ्या भोंवतणी वारें घोळटा.

आदल्या काळातं वारें घेवपाची आधुनीक साधना लब्ध जावचे पयलीं राजे-रजवाड्यांनी अशा चंवरीनी घराण्यांतल्या म्हा मनशांक वारें घालपाची पद्दत सली. गोंयांत देव-देवींचे पालखीचे मिरवणुके वेळार य वटांनी चंवऱ्यो हालोवन देव-देवीक वारें घालपाची आसा. हें काम देवळाचे म्हाजन करतात. कांय कडेन काम करपाचो हक्क परंपरेन थारावीक कुटुंबा कडेन ा.

- **सं.**

**चवळी :** मराठी : चवळी, हिंदी : लोबिया, गुजराती : छोला, कन्नड : अळसंदी, संस्कृत : भाष, इंग्लिश : काऊ - मार्बल काचांग, लॅटीन : विग्रा चांग.

एक कड्डुण- वाल. मोटवी आनी पसरट वा लीप्रमाण वाडपी अशे वनस्पतीक चवळी वा अळसांदे शें म्हणटात. चवळेचें रोंप जायत्या प्रकारांचें आसूंक कता. पसरट, लांबोडें, उबें, मोटवें नाजाल्यार वालीसारकें माटवार चडपी अशें. चवळेच्या पानांची लांबाय 7.5 ते 15 सें.मी. इतली आसता. पानां गाड पाचव्या कोराचीं आसतात. चवळेचीं पाळां तंतुमय (fibrous) प्रकाराचीं आसून तांचेर बारीक-बारीक पुळयो आसतात. हांकां 'रायझोर्बायम नोड्यूल्स' अशें म्हणटात आनी हातूंत हवेंतलें नत्र ओडून तें जमनीत सांठोवपाची तांक आसता. हाका लागून जमनीची कस वाडपाकूय मदत जाता. चवळेच्या फुलांचो रंग जातीप्रमाण धवो, लेव जांबळो वा सदाफुलीच्या फुलांच्या रंगा सारको आसता. चवळेच्या सांगांचो रंग पोपटी, चॉकलेट, लेव हळडुवो वा तांबूस पाचवो असो जातीप्रमाण थारता. सांगो 7 ते 8 सें.मी. इतल्यो लांब आसूं येतात अनी तातूंत 8 ते 20 बियो आसतात. चवळेच्यो सुदारीत अशो 20-30 जाती आसात. तातूंतल्यो मुखेल जाती अश्यो :-

1) सी - 152 आनी 2) पुसा-दो-फसली.

1) सी-152 :- ही जात चड करून कड्डुणां खातीर वापरतात. पूण गोरवांचे खावडी खातीर तशेंच पाल्याच्या साऱ्या खातीरूय हिचो वापर करतात. हे जातीच्या बियांचो रंग चॉकलेटी रंगाचो, तांबूसअसो आसता.

2) पुसा-दो-फसली :- हे जातीचें पीक 85-95 दिसांनी तयार जाता. हे जातीच्या बियांचो रंग धवसार आसता.

चवळेचें पीक उपोश्ण कटिबंधी वाठारांत तशेंच उश्ण वाठारांत जाता. ताचें पीक उणें उदक आशिल्ल्या वाठारांत घेवपाक जाता. चवळेचें पीक ऑगस्ट-सप्टेंबर म्हयन्यांत आनी वायंगणांत नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हयन्यांत घेवपाक जाता. पांचव्या पाल्याच्या साऱ्या खातीर वापरपाक चवळेचें पीक जून-जुलय म्हयन्यांत रोयतात. सर्द पीक लायतना 30-35 सें.मी. अंतराचेर वळी मारून बीं रोयतात. तशेंच रोपांतलें अंतर 8.10 सें.मी. दवरतात. पूण वायंगण पिका खातीर दोन वळींतलें अंतर 25-30 सें.मी. दवरतात. चवळी हें एक द्विदलीय (leguminous) पीक आशिल्ल्यान ताका नत्राचो

पुरवठो पाळांतल्यान जाता. चवळेच्या पिकाक वांयगण आनी गिमांत तशेंच खास करून फुलां येवपाच्या वेळार 3-4 फावटीं उदकाची पुरवण करची पडटा. चवळेचें पीक हे वाल वा तरण्या सांगां खातीर वापरपाचें आसल्यार 45-90 दिसां भितर काडूंक जाय. सांगो पिकूंक लागतकच आनी सुकूंक लागतकच चवळेचें पीक काडटात आनी ह्यो सांगो मळार घालून मळटात. सांठोवचे पयली चवळीं वोतांत सुकोवन घेतात आनी ह्योच चवळ्यो बाजारांत विकपा खातीर हाडटात.

मुखेल करून चवळेचो उपेग-सांगो तशेंच बियां खातीर (कड्डण) म्हूण वापरतात. चवळेच्या झाडांचो गोरवां खातीर खावड म्हूण उपेग जाता. चवळेच्या पिकाचो जमनीचो कस वाडोवपा खातीर तशेंच पाचव्या पाल्याचें सारें करपा खातीरूय उपेग करतात. चवळेच्यो बियो उकडून खावपा खातीर तशेंच जेवणांत तरांतरांचे जिन्नस करपा खातीर वापरतात. कोंकणांत चवळेचो रोस (पातळ भाजी) आनी उसळी करपा खातीर चड वापर जाता. चवळेच्या सांगापसून आनी बियांपसून प्रथिनां, स्निग्ध पदार्थ, कार्बोहायड्रेटस, खनिजां आनी कॅलरी मेळटात. हेभायर चवळेंत तरांतरांचीं जीवनसत्वां, वितंचकां (enzymes) लीपीड्स (lipidis) आनी अमाइनो अम्लां (amaino acids) आसतात. चवळेचीं पानां, देंठ, मुळां, सांगो हांचेपासत बरो प्रतीची गोरवांची खावड तयार करतात. फिग्दाच्या दुखण्या आड चवळेचो वापर करतात. कामीण जाल्ल्या दुयेंतीकूय चवळी दितात.

**- सं. मं.**

**चवाठो :** गांवांतल्या चार रस्त्या वयली सुवात. जे सुवातेर चार रस्ते वा वाटो एक जातात ते सुवातेक चवाठो म्हणटात. चवाठो ही गांवांतली मध्यवर्ती सुवात जाल्ल्यान थंय सांस्कृतीक उपक्रम करपाची प्रथा आसा.

भारतांत भूत, पिशाच्च, दिश्ट-बाधा निवळपा खातीर केल्लो उपचार वा उतारो देवळा मुखा वेल्या चवाठ्य हाडून उडयतात. कांय राष्ट्रांनी आत्महत्या केल्ल्या आ मरणाची ख्यास्त दिल्ल्या मनशांक चवाठ्यार पुरतात ट्यूटन लोक गुन्यांवकारांक चवाठ्यारूच सुळ चडयताले.

कांय कडेन शिगम्याच्या दिसांनी चवाठ्यार हो पेयटतात. याज्ञीक कृत्य करचे खातीर ज्या जाग्या वे माती हाडपाक सांगल्या तातूंत चवाठ्या वयले मातयेचो उल्लेख आसा.

गुजरातांत भरवाड लोकांच्या लग्नांत हिजड कडल्यान गंवाच्या पिठाचे चार पिंड चवाठ्यार उडयता गुजरातांत बालप्रतिपदेच्या दिसा घरांतलो कोयर, चिख चवाठ्यार हाडून उडोवपाची चाल आसा.

किडेल्लीं, कुसिल्लीं फळां, कड्डुणां चवाठ्य उडयतकच तीं चार वाटांनी चवाठ्यार पावपी मनशां नदरेक पडटात. अशा वस्तींचेर चार-चौगांची नदर पडल म्हणटकच दृश्टी-बाधा पयस जाता आनी पिक पिड्ड्य जायना असो समज आसा.

चवाठो ही गांवची मध्यवर्ती सुवात जाल्ल्या चवाठ्यार गांव-कळोवणी वा गांव-जमोवणी अश भौशीक कार्यावळीय जातात. तेच प्रमाण ती सुवा गांवच्या लोकांचे सोयी खातीर गांवचें वेपार केंद्रय जाता.

**- स**

**चाको :** तन्न्या पणसापासून केल्लें एक खाण

साहित्य : 1 तन्नो चाको (कुंवलो) , 6 हरव मिरसांगो, 1 वाटीभर तोरची दाळ 1 कुलेर तेल, अ कुलेर मिरसांगेचो पिठो, अर्द कुलेर हळदिचो पिठो, 5- ओटाचीं सोलां, गॉड, हिंग, जिरें, एका वळ्याची सोय एक वाटीभर तोरची दाळ, फोडणे खातीर सांसवां

**रीत :** तोरची दाळ धुवन घेवची. आदोळेक आ हाताक तेल लावन घेवचें. एका आयदनांत उदक घेव चाको चिरून घेवचो. चाक्याचे सारके कुडके करचे आ मदली माव काडून चाको बारीक चिरून उदकांत घालचो

एका आयदनांत तेल घालचें. तेल तापलें उपरांत हिंग, ारसांगेचे कुडके, सांसवां, जिरें घालून फोडणी दिवची. ारिल्लो चाको आनी धुवन घेतिल्ली दाळ घालची. ातूंत हळद आनी मिरसांगेचो पिठो घालून परतूचें आनी ाको बुडसर उदक घालचें आनी शिजोवचें.

दाळ शिजतकच चाको शिजला अशें समजुपाचें. दक सगळें सुकलें आनी दाळ शिजलिना जाल्यार ानीक थोडें उदक घालचें. दाळ शिजतकच तातूंत गोड, ोय, मीठ घालचें. ओटाचीं सोलां नाजाल्यार ामटाणीचें उदक करून घालचें, चाळचें आनी उदक ुकतकच सकयल काडचें.

पाचवे चणे रातचे फुगत घालून दाळी बदला घाल्यार ाता. तशेंच चाको चिरून चणे ना जाल्यार दाळ घालून ुकरांत शिजयल्यार बरो जाता.

- सं. मं.

ाडो : पळयात → समाज - कोंकणी (किरिस्तांव)

**चातक** : एक सवणें. क्लेमेटर याकोबिनस हें ताचे शास्त्रीय नांव. कोगूळ, पावशा आदी सवण्यां वांगडा हाचोय क्युक्युलिडी ह्या पक्षकुळांत आसपाव केला. पुराय भारतांत आनी हिमालयांत सुमार 2,440 मी. उंचायेचेर हो पळोवंक मेळटा.

हो पक्षी सादारण साळोरेयेदो आसता, पूण ताची शेपडी बरीच लांब आसता. शरिराचो सगळो वयलो भाग, नकली आनी ताचेर ठसठशीत काळ्या रंगाचो तुरो, गळ्या कडच्यान सगळो पोंदचो भाग धवो, पाखांचेर रूंद धवे पटे, दोळे तांबडे तपकिरी, चोंच काळी आनी पांय काळसार निळे, नर आनी मादी दिसपाक एकसारकींच दिसतात. तीं एकएकटीं वा जोडप्यान भोंवतात. तांचो पी-पी-पिऊ, पिऊ-पिऊ - पी-पी-पीऊ असो आवाज आयकुपाक बरें दिसता.

चातकाची वीण जूनपसून ऑगस्ट मेरेन जाता. चातकी आपलीं तांतयां सातभाईच्या घोंटेरांत घालता. तांतयांचो रंग सातभाईच्या तांतयां प्रमाणूच मळबा रंगाचो (निळो) आसता. चातकी सरळ सातभाईच्या घोंटेरा कडेन वता. सातभाई हो एक ल्हान पक्षी आशिल्ल्यान चातकीक भिवन घोंटेरांतल्यान पळून वता आनी कसलीच कोणाची आडखळ नासतना चातकीक ताच्या घोटेंरांत तांतयां घालूंक मेळटात. सप्टेंबराच्या सुमाराक सातभाईची पिलां तांतयांतल्यान भायर सरतात, तातुंतूय चातकाची पिलां आसतात. आपल्या पिलां वांगडाच सातभाई चातकाच्या पिलांकूय वाडयता. चातकाचीं पिलां तपकिरी रंगाची आसून तांच्या पाखांचेर हळडुवो आडवो पटो आसता, ताका लागून ह्या सवण्यांक सहज रितीन वळखुपाक शकतात.

चातक सदांच दाट झाडां-झुडपांनी रावतात, पूण लोकवस्तीच्या भोंवतणच्या झाडांचेरूय तो दिसता. टोळ, नाकतोडो, केंसाळ सुरवंट, मुंयो, कापड्यो आनी केन्नांय कांय फळां तो खाता. तो वृक्षवासी (झाडार रावपी) पूण भक्ष्य मेळोवपा खातीर केन्ना केन्नाय तो जमनीर देंवता.

दमट आनी भरपूर उदक आशिल्लो प्रदेश ताका खूब मानवता. ताका लागून तो पावसाळ्यांत पुराय कोंकण प्रदेशांत पळोवंक मेळटा.

हो पक्षी पावसा आदीं रडिल्लो दिसता. म्हणून तो पावसा खातीर रडटा म्हणजे पावसाची प्रतिक्षा करता अशी समजूत आसा.

- सं. मं.

**चातुर्मास** : आषाढ शुक्ल एकादशीपसून कार्तिक शुक्ल एकादशी मेरेनचे चार म्हयन्यांच्या काळाक चातुर्मास म्हणटात. ह्या काळांत हिंदू धर्मांत कांय विशिश्ट धर्मीक पथ्यां पाळटात. तशेंच खाशेलीं अशीं व्रतां करतात.

चातुर्मासाच्या आरंभाक जी एकादस येता, तिका शयनी आनी समाप्तीक जी एकादस येता, तिका बोधिनी तशेंच प्रबोधिनी म्हणटात. मनशाचें एक वर्स हें देवांचें एक

अहोरात आसता. दक्षिणायन ही देवांची रात आसून, उत्तरायण हो तांचो दीस आसता. कर्क संक्रांतीक उत्तरायण पुराय जाता आनी दक्षिणायनाक प्रारंभ जाता. म्हणजेच देवांची रात सुरू जाता. कर्क संक्रंत आषाढ म्हयन्यांतूच येता. म्हणूनूच आषाढ शुद्ध एकादशीक शयनी एकादस म्हणटात. कारण त्या दिसा देव न्हिदतात, असो समज आसा. कार्तिक शुद्ध एकादशीक देव न्हिदून उठ्ठात, म्हणून तिका बोधिनी म्हणटात. दक्षिणायन स म्हयन्यांची आशिल्ल्यान देवांची रातूय तितकीच आसूंक जाय आशिल्ली. पूण बोधिनी एकादशी मेरेन चारूच म्हयने पुराय जातात. हाचो अर्थ असो की रातिचो एक तृतियांश उरता तेन्ना देव जागे जातात आनी आपले वेव्हार करूंक लागतात अशें समजतात.

देवांच्या ह्या निद्राकाळांत (न्हिदपाच्या काळांत) असूर प्रबळ जातात आनी मनशांक त्रास दिवंक लागतात, अशें सांगला. त्या असुरांपसून स्वताची राखण करपा खातीर दर एकल्यान कसलेंय तरी व्रत (उपासाचें) करचें अशें धर्मशास्त्रांत सांगला :

**वार्षिकांश्यचुरो मासान् वाहयेत् केनचिन्नर :।**
**व्रतेन नो चेदाप्नोति किल्मिषं वत्सरोद्भवम्॥**

अर्थ : दर वर्सा चातुर्मासांत मनशान कसलेंय तरी व्रत (उपास) करचेंच, नाजाल्यार ताका संवत्सरोद्भव अशें पातक लागता.

चातुर्मांसांतलीं पथ्यां : चातुर्मासांत जनावरांच्या अस्थींचो चुनो, चर्मपात्रांतलें उदक, लिंबू, म्हाळुंग, वैश्वदव जावंक नाशिल्ले आनी विष्णूक अर्पण करूंक नाशिल्ले अन्न, मसूर, मांस, धवे पावटे, कोयतेवाल, चवळी, लोणचें, वायंगे, काळींग, बीं आशिल्लें वा बीं नाशिल्लें फळ, मुळो, बोरां, आवाळो, आमटाण (चींच), कांदो, लसूण हे पदार्थ खावपाचें टाळतात. तेचप्रमाण मंचकाचेर शयन, ऋतुकाला वाचून स्त्रीगमन, परान्न ह्यो गजालीय टाळल्यात. चातुर्मासांत हविष्यान्न खावचें अशें सांगला. तांदूळ, मूग, तीळ, वाटाणे, गंव, दर्यांतलें मीठ, गायचें दूद, धंय, तूप, पणस, आंबो, नाल केळीं आदी. पदार्थ खातात.

कांय बायलो चातुर्मासांत धरणे-पारणे नांव उपास करतात. हातूंत एक दीस जेवण आनी दुसरे उपास अशे चार म्हयने करतात. कांय बाय चातुर्मासांत एक वा दोन धान्यांचेर रावतात. बायलां पंचामृत सोडटात. कांय एकभुक्त रावतात.

चातुर्मासांत यतीक वपन वर्ज सांगला. ताणें म्हयने, नाजाल्यार दोन म्हयने तरी एकेच सुवातेर राव अशे धर्मसिंधूंत आनी हेर कांय धर्मग्रंथांतूय सांग कोंकणी सारस्वत समाजाचे धर्मगुरू (स्वामी) काळांत धर्मस्थळांनी रावून आपल्या अनुयायां वां चातुर्मास व्रतां पाळटात.

-सं.

**चानी : पळयात → परिशिष्ट**

**चाफाडकार, रामदास गणपत :** (जल्म : फेब्रुवारी 1935, सावयवें फोंडें, मरण : ---?)

गोंयचो सुटके झुजारी. बापायचें नांव गणपत कृ चाफाडकार. तो 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वां आशिल्लो. 1953-54 वर्सा आझाद गोमंतक संघटणेन वज्र्या गांवांत लश्करी शिक्षण आयोजीत केल ताचो लाव ताणें घेतलो. लोकांक शिक्षण मेळचें अ तांकां राजकारणा विशीं जाग येवची म्हूण ताणें तरणाट खातीर साक्षरतेचे वर्ग घेवंक सुरवात केली. पत्रकां वां आनी तिरंगी बावटे लावप असलीं कामां तो करतालो. जानेवारी 1955 दिसा ताणें मोहन रानडेच फुडारपणाखाला बाणस्तारी पुलीस स्थानकाचेर हल केलो. उपरांत ताणें चोडणेच्या रेजिदोराचेर हल्लो के आनी ताचे कडल्यान पिस्तूल काडून घेतलें. हळदे पुलीस स्थानकाचेर ताणें धाड घाली. पालये मिनाखणी ताणें हल्लो केलो. 9 ऑगस्ट 1955 दिसा सालाइ

वटीक तेंको दिवपी आनी स्वातंत्र्य सैनीकांक पिडपी त्रयवेरेंचो कुस्तादियु फेर्नांदिश हाका जिवानिशी लो. पुलिसांनी ताका धरलो. ह्या कुस्तादियु फेर्नांदिश ां क्रांतिकाऱ्यानी लायिल्लो तिरंगो बावटो लाशिल्लो. सांनी रामदास चाफाडकाराक पुलीस स्थानकांत च मार घालो. उपरांत 28 डिसेंबर 1956 दिसा ताका शीक लश्करी न्यायालयामुखार (Territorial itary tribunal) हाडलो. न्यायाधिशान ताका बावीस र्शं बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली आनी दर दिसा इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो वा ा बदला जादा दोन वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त र्मायली. तो नासतना पुलिसांनी ताच्या घराचेर धाड नी, तेचपरी शस्त्रांचो सोद घेवपाक ताचें सगळें शेत गून इबाडून उडयलें. 19 ऑगस्ट 1961 दिसा ताची खणींतल्यान सुटका जाली. भारत सरकारान ताम्रपत्र विन ताचो भोवमान केलो.

**-सं. मं.**

**चांफो :** कोंकणाच्या ग्रामीण वाठारांत लोकप्रिय आशिल्लें फुल-झाड. भाट, कुळागर, सूं, रस्त्या देगो, धार्मीक वाठार सारकिल्ल्या सुवातींनी फ्याचीं झाडां सोबे खातीर तशीं तांच्या फुलां खातीर ाम लायतात. चांफ्याचे वेल अशे सात-आठ कार आसून प्रकाराप्रमाण डांचो, फुलांचो, नांचो, फळांचो आकार नी वास आसता. हांगा कणांत मेळपी मुखेल शे सात चाफे आसात.

**1) कनक चांफो :** (मराठी - कनक चाफा, हिंदी खांबर, रामधन चंपा, कन्नड : नारोळे, लॅटीन : ऑक्ना स्क्रॅरोजा, ऑ. जाबोटापिटा, कूळ - ऑक्नेसी)

ऑक्नोसी कुळांतलो कनक चांफो दिसपाक सुंदर दिसता. ताची उंचाय सुमार 2.5 मी अशी आसा. हो चांफो पानझडी आनी ल्हान रूख, कोंकण आनी उत्तर कारवार हांगाच्या दाट रानांनी आनी बिहार, ओरिसा, आसाम, तमिळनाडू, ब्रह्मदेश आनी श्रीलंका ह्या वाठारांनी दिश्टी पडटा. ताची साल, पातळ, गोबराकोराची आनी तिकतिकीत आसता. ताची पानां सादीं, लांबशीं, वाटकुळीं, चकचकीत, एका आड एक आनी मोटव्या देंठाची आसून तीं शिंया तेंपार झडटात.

फेब्रुवारी-मार्च म्हयन्यांत ह्या रूखाक तन्न्यो कोमऱ्यो येवंक लागतात. तेन्नाच म्हणल्यार फेब्रुवारी-एप्रिल ह्या म्हयन्यांत चवरां भशेन परिमजंरीचेर भरपूर वासाचीं, मोटीं, हळडुवीं फुलां येतात. 3-6 फातराभशेन घट्ट बियो मेळून घोंसफळ जाता. नवी लागवड, बियो वा कलमावरवीं करतात.

ह्या रूखाचें लांकूड तांबशें, गोबऱ्या कोराचें आनी घट्ट आसता. हातांत धरपाचीं बेतां, कोरीव आनी जडावाचें काम हांचे खातीर ह्या लांकडाचो उपेग जाता. ह्या झाडाच्या मुळांचो काडो मासिक पाळयेच्या



सोनचाफो

दुखण्याचेर, तेचपरी दमो, क्षय हांचेरूय दितात. ताची साल पाचक आनी शक्तीवर्धक आसता.

**2) कवठी चांफो :** (मराठी - कवठी चाफा, हिंदी बारी चंपा, इंग्लीश - बुल बे , लॅटीन - मॅग्नोलिया ग्रॅंडिफ्लोरा, कूळ - मॅग्नोलिएसी)

बाराय म्हयने पानां आशिल्ला ह्या सुंदरशा रूखाची उंचाय सुमार 2.4 मी. इतकी आसता.

कवठी चांफ्याचें वंशवाचक लॅटीन नांव 'मॅग्नोलिया'. हें 'पियरे मॅग्नोल' ह्या मॉपॅलिए वाठारांतल्या प्राध्यापकाच्या नांवावेल्यान दिलां.

कवठी चांफो मुळचो उत्तर अमेरिकेंतल्या कॅरोलायना ह्या वाठारांतलो आसा. तेचपरी भारत, ब्रह्मदेश, चीन, जपान ह्याय देशांत हो रूख दिश्टी पडटा. हिमालय आनी निलगिरी वाठारांनी 2,100 मी. उंचाये मेरेन ताची वाड बरी जाता.

वासाळ फुलां हें ताचें खाशेलें लक्षण. ताचीं पानां सादीं, एका फाटल्यान एक, चिवट, गडद पाचवीं, व्हड, वयर चकचकीत आनी पोंदच्यान तांबशी आनी केंसाळ आसतात. ताळयो आनी कळ्यो तांबश्यो केंसाळ असून साल गोबराकोराची आनी गुळगुळीत आसता. ताळयेच्या तोंकाक एप्रिल ते मे ह्या म्हयन्यातं धवें, मोटें, वासाळ आनी द्विलिंगी एक-एक फूल येवंक लागता. फुलां फुलचे पयलीं पानांचे राशींत आयिल्ल्यो ल्हान कळयो तांतयां भशेन दिसतात. संदलां मोटीं आनी पांकळ्याभशेन आसतात.

पाकळ्यो सुमार 6-12 तांतयां आकाराच्यो टणक आनी वेगवेगळ्यो आसतात. केसरदलां जांबळसार आनी कितलीशींच आसतात. किंजदलां वेगवेगळी आनी भरपूर आसतात. देंठाच्या तोंका वयलो भाग लांबोडो आसता. ह्या रूखाक सुमार 7-10 सें.मी. लांब, तांबशें, केंसाळ आनी तांतया आकाराचें घोंसफळ येता आनी दरेक ल्हान फळ फुटून तातूंतल्यान शेंदरी रंगाच्यो बियो भायर पडटात.

ह्या रूखाच्या पुराय भागांत वासाळ (बाष्पनशील आनी उडून वचपी तेल आसता. फुलांपसून वासा मॅग्नेलिया तेल वेपारी तत्वाचेर काडटात. ह्या नांवा अत्तरूय कृत्रिम तरेन करतात. बियांपसून काडिल्लें ते शाबू करपाक वापरतात. ताची साल उत्तेजक, वासा पुश्टीक आनी स्वेदकारी (घाम हाडपी) आसून थंडी जोर, संधिवात हांचेर वापरतात. ताचें लाकूड पाचव रंगाचें करडें शें आनी मॅपलसारकें आसता.

बियो आनी गुटी कलमापसून नव्या रोंपाची लागव करतात. ह्या फुलाक लुइझिॲनाचें राष्ट्रीय फूल मानतात

**3) खैर चांफो (कूड चांफो) :** (मराठी - खैर चाफ पांढरा चाफा, हिंदी : गुळैंची, चमेली, गुजराती : रा चंपो, धोळो चंपो, कन्नड : कुडुसंपिगे, इंग्लिश : टेंपल ट्र पॅगोडा ट्री, क्रांजीपनी, लॅटीन : फ्लुमेरि ॲक्युटिफोलिया, कूळ : औपोसायनेसी)

खैर चांफ्याचो रूख मध्यम आकाराचो आसून ता उंचाय सुमार 6-10 मी. अशी आसा. फकत स म्ह पानां धरपी हो रूख मूळचो मेक्सिको आनी ग्वातेमा ह्या वाठारांतलो आसा. पयलीच्या काळासावन भारत देवळाच्या वाठारांत हो रूख रोयताले. ताचे वेल्या



**खैर चांफो (कूड चांफो)**

हा टेंपल ट्री इंग्लीश नांव पडलें.

फ्रेंच धर्मोपदेशक, भोंवडेकार आनी वनस्पती तज्ञ र्नस प्यूमर (1646-1706) हाचें नांव ह्या रूखाच्या ोन वंशवाचक नावांत घाल्ले आसून ताच्या तोंकाच्या ां कडेन जातीवाचक नांवाचो संबंद आयला. ह्या ाक वांकड्यो तिकड्यो तुळयो आसून जायते कडेन ी विभागणी जाल्ली आसता. ताची साल खडबडीत मून तिका घाय केल्यार थंयच्यान धवो दीख भायर ता. ताची शारीरिक लक्षणां अॅपोसायनेसी वा करवीर ांत वर्णन केल्याप्रमाण आसतात. ताची पानां याच्या तोंकांक एकामेकां सामकार सार्दी, मोटीं नी भाल्या भशेन रूंद, दोनूय तोंका अरूंद आनी गच्च सतात.

डिसेंबर म्हयन्यांत हीं पानां गळूंक लागतात. आनी माळ्याचे सुरवेक नव्यो कोमऱ्यो येवंक लागतात. ते एप्रिल आनी जुलय ते ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांनी ीं, मोटीं आनी वासाळ फुलां ताळयेच्या तोंकांक ांनी येतात. पाकळ्यांच्या पोंदा, म्हणल्यार मकयले न तांबशी झाक मारता आनी पाकळ्यांच्या वयर ड्वो रंग आसता. पोंदा आनी वयर दोनूय कडेन शी फुलां फुलपी खैर चाफो आसता. ह्या फुलाक पांच ळ्यो आसून केसरदलां सामकीं ल्हान आसतात. दोन जदलां पसून तयार जाल्लीं दोन लांबोडी पेटिकां फळां मार पिंगशा शिंगाभशेन दिसतात.

ह्या रूखाचें लांकूड मोव आशिल्ल्यान धोलकीं क ताचो उपेग जाता. ह्या रूखाचो दरेक भाग वखदी मून सूज आयल्यार ताचेर पानांचो लेप (पोटीस) यतात. ताचो दीख संधिवाताचेर लायतात. आंग कुमप वा खोरोज हाचेर चंदनाचें तेल, कापूर आनी याचो दीख एकठांय करून लायतात. पातळ परसा न जायत रावल्यार हाची साल कातली आनी तूप- ना वांगडा दितात.

नव्या झाडाची लागवड कलमांनी जाता. गिमांत ताची गवड बरे तरेन जावंक शकता. खैर चाफ्याचे जायते प्रकार आशिल्ल्यान तातूंत तांबडो खैर चाफो(रूब्रा रूब्रा) हाचो आसपाव जाता.

**4) नाग चांफो** : मराठी - नागचाफा, नागचंपा, हिन्दी, संस्कृत आनी गुजराती : नागकेशर, कन्नड - नागसंपिठो, संस्कृत : नागपुष्प, सुवर्णा, इंग्लीश - आसाम (सीलोन) आयर्नवुड, लॅटीन - मेसुआ फेरिया, कूळ - गटिफेरी)

नाग चाफ्याच्या रुखाची उंचाय सुमार 15 ते 18 मिटर आसून आसाम, उदेंत हिमालय, कारवार, दक्षिण कोंकण, गोंय, त्रावणकोर, कोचीन, अंदमान जुंवे आनी श्रीलंका ह्या वाठारांत उश्ण कटिबंधातल्या सदापर्णी रानांत हो सुंदर आनी बाराय म्हयने पानां आशिल्लो रूख दिश्टी पडटा.

नाग चाफ्याचो रूख चड करून बौद्ध विहारांत आनी हिंदूंच्या देवळा लागसार लायतात. ताचो घेर 1.5 ते 2 मिटर आसता. ताचें कांड तांबशें - पुडी कोराचें आसून पानां सार्दीं, एकामेकां सामकार, चिवट, चकचकीत, तोंकां आशिल्लीं आनी सकयले वटेन केंसाळ आसतात. फेब्रुवारी ते मार्च म्हयनयांत ताका ल्हान, धवीं आनी वासाळ फुलां, एकसुरी वा जोडयेन येतात. फुलांक चार पाकळ्यो आसून, परागकोश भांगरा कोराचो आसता.

ताका दाट कवच आशिल्लें व्हड बोरा येदें आनी गडद तपकिरी कोराचें गुळगुळीत चार बियो आशिल्लें बोंड येता. ह्या रूखाचें लांकूड तांबशे घट्ट आनी तिगपी आसता.

रेल्वे मार्गा सकयले लांकडाचे लोटिंग, सजोवपाचें मामान, गाडयो, नांगर, व्हडीं, शिडाचे खांबे आदी वस्तू करपाक ह्या रूखाचें लांकूड उपेगी पडटा. फुलांपसून अत्तर आनी वासाचीं तेलां तयार करतात. बियांपसून काडिल्लें तेल दिव्यांत वापरतात. माल आनी मुळां हातूंतलो दीख, तेल वा टर्पेटाईन हातूंत भरसून लॅकर (lacquer) कसो वापरतात. माल आनी फुलां स्थंभक, आंतकड्याचे आकुंचन करपाक मदत करपी आनी पाचक

आसता. कफा सारकिल्या दुयेंसांचेर फुलां उपेगी पडटात. तळव्यांतल्यान येवपी उजो आनी मूळव्याध हांचेर लोणी आनी फुलां आल्या वांगडा एक करून दितात.

बियांपसून काडिल्लें तेल संधिवाताचेर उपेगी पडटा. सोबे खातीर वा सावले खातीरय हो रूख बागांनी लायतात.

**5) भूंय चांफो :** (मराठी : भुई चाफा, हिंदी - भुई चंपा, गुजराती : भुईचंपो, कन्नड : नेल संपिगे, संस्कृत : भूमिपंचा, भूचंपक, लॅटीन : कॅफेरिया राटुंडा, गण : सिटॅमिनी, कूळ : झिंजिबरेसी)

भूंय चांफो हो सुंदर, वासाळ आनी जायतीं वर्सां उरपी वखदी झाड. मलाया आनी भारत ह्या दोन देशांत सगळे कडेन दिश्टी पडटा. ह्या झाडाचें कांड जमनींत आसता. फकत फुलां आनी पानां जमनीवयर दिसतात. हें कांड गांठीभशेन (मुलक्षोड) आसून ताका फांटे फुटिल्ले दिसतात आनी ह्या फांट्यांक कांद्या सारक्यो गांठी येतात. (ग्रंथी क्षोड). लांब, मोटीं आनी मोटवीं अशीं दोन वा केन्नाकेन्नाय चड पानां ह्या झाडाक येतात. तांतयां आकाराचीं आनी भाल्या भशेन आशिल्ल्या ह्या पानांचो वयलो भाग पाचवोचार आनी ताचेर चित्रविचित्र आकृतायो आसतात. पानांचो सकयलो भाग तांबसर-जांबळो आसता. एप्रिल म्हयन्यांत धवीं, मोटीं आनी वासाळ फुलां येतात. ताची व्हडली पाकळी जांबळसार आसतात. फुलां येवपाच्या वेळार ह्या झाडाचीं पानां सुकून गेल्लीं आसतात. पावसाळ्यांत ताका नवीं पानां येवंक लागतात.

दोन आवरणाच्या मदी बोंड येता. तातूंत जायत्यो बियो आसतात. ह्या झाडाचीं फुलां जमनींतल्यान आयिल्ल्यान ताका 'भूंय चांफो' हें नांव पडलें. ह्या झाडाचे कांदे (ग्रंथीक्षोड) कोडू आनी तिखट आसतात. तांकां सुरवेक कापराभशेन वास येता. दुखापत जावन रगत व्हावप वा पूं जावप, सूज हांचेर ह्या कांद्याचो लेप बांदतात. गालगुटांचेर हो कांदो वांटून लायतात.



भूंय चांफो

हातापांयांचे सुजेचेर ह्या कांद्याचो रोस घेतात. पूण वांतिकारक आशिल्ल्यान तोंडाक बरेंच उदक सुट मूळक्षोड आनी पानां वासाळ आसतात. वासाळ पदाथ वा सौंदर्यप्रसाधनांत तातूंतले लेव हळडुवें आनी उ वचपी तेल काडून घालतात. तेलांत सिबीओल अ मिथिल शॅबिकॉल हीं द्रव्यां आसतात.

लागवड : एके कुंडीत भरून तातूंत ह्या झाड सुकिल्लो पालो एक करून एके कुंडींत भरून तातूंत झाडांचे कांदे लायतात. उपरांत ताका दोन वा चड प येतात. एप्रिल म्हयन्याच्या सुमाराक हीं पानां सुक आनी भुंयेंतल्यान फकत फूल भायर सरता. फूल आयल उपरांत झाड सामके सुकता. पूण कांदे जमनीं आसतात.

कांय दिसांनी कोंब आयिल्ले कांदे काडून तां लागवड करतात. हे कांदे रोयतकच झाड लागमेरेन तां उण्या प्रमाणांत उदक लागता. जशें जशें रोंप वाडटा त तशें रोंपाक उदक चड घालचे पडटा. उदकांत शेण अमोनियम सल्फेट घालून तें उदक ह्या रोंपाक घाल रोंप बरें वाडटा.

**6) सोन चांफो :** (मराठी : सोन चाफा, हिंदी : चं संस्कृत : संपक, कन्नड : चंपिगे, संपिगे, गुजराती

चंपो, संस्कृत : सुवर्णचंपक, हेमपुष्प, इंग्लीश : ड (यॅलो) चंपा, लॅटीन :मायकेलिया चंपका, कूळ : लिएसी)

ह्या रूखाचें लॅटीन मायकेलिया हे वंशवाचक रेंटाइन ह्या वाठारांतल्या पी. ए. मायकेली (1679-37) ह्या वनस्पत तज्ञाच्या नांवा वेल्यान दिलां आनी चंपक हें नांव भातीय नांवा कडेन जोडिल्लें आसा. कृत वाड.मयांत चंपक ह्या नांवाचो स्पश्ट उल्लेख टा. भांगराच्या रंगाच्या फुलां वयल्यान ह्या रूखाक चांफो आनी हळ्डुवो चांफो अशें म्हणटात.

हो रूख उदेंत हिमालय (सुमार 930 मी. उंचायेच्या ारांत) नेपाळ, सिक्कीम, आसाम, ब्रह्मदेश, सह्याद्री नी दक्षिण भारत वाठारांनी दिश्टी पडटा.

ह्या रूखाक बाराय म्हयने पानां आसतात. तशेंच ह्या ाचो आंवाठ 3-4 मी. आसून उंचाय सुमार 30 ते मी. आसता. ह्या रूखाचें मूळ बरेंच व्हड आसता. करडी आनी दाट आसता. पानाचें मदीं मोटें, उग्र ाळ, लेव वा गडद हळडुवें वा नारिंगी कोराचें एक- फूल येता. हें फूल द्विलिंगी आसून ताका सुमार 15 ळीं परिदलां आसतात. केसरदलां मेकळी आसतात. मफळांतलें दरेक ल्हान फळ पेटिका फळ (शुश्क आनी शिवणेचेर पेटये भशेन उगडपी) आसता. पेटिका ांत दोन वा चड तांबश्यो बियो आसतात.

घोंसफळ सुमार 5-10 सें. मी. लांबशें, वांटकुळें ाता. ही फुलां मे-ऑक्टोबर म्हयन्यांत चड येतात नी संबंद वर्सभर थोडीं-थोडीं येतात.

ह्या रूखाचें लांकूड मोव, ल्हव आनी तिगपी आसता. ाज आनी विमान बांदावळींत तेचपरी खांबे, फळयो, ोवपाचें सामान, तक्ते, कोरिवकाम, धोलकीं, च्याचे के, लाप्स, खेळणी आदी वस्तू तयार करपाक ह्या ंकडाचो उपेग जाता. सोनचाफ्याच्या फुलांपसून जो रंग डटात तो रंग कापड उद्देगांत कापड रंगोवपाक रतात. कांडाची साल स्तंभक आनी मूत निवळ रपी, तेचपरी जोर, खोंकली हांचेर उपायकारक आनी उत्तेजक आसता. 0.3 टक्के अल्कलॉइट आनी टॅनिन आसता. सुपारे वागडा हाची साल चघळटात. तेचपरी तिखयेंत सालीची भेसळ करतात. कांय प्रकाराचे रश्मी किडे रूखाचेर वाडयतात. फुलां आनी फळां भूक वाडोवपी आसून उत्तेजक, जंतूनाशक, पुश्टीक, कडू आनी थंड आसतात. तेचपरी अग्रिमांध आनी मुत्रपिंड ह्या सारक्या दुखण्यांचेर तीं उपेगी पडटात. दोळ्यांचे दुखणें, संधिवात, तकली उसळप आदीचेर फुलांचें तेल उपेगी पडटा. हें तेल वासाचें आशिल्ल्यान ताचो अत्तरांत उपेग करतात. फुलांचे हार, फांतयो करतात. मेकळीं फुलांय देवाक घालतात आनी बायलां माळटात.

**7) पाचवो चांफो :** (मराठी : हिरवा चाफा, हिंदी : हरिचंपा, मदनमस्त, गुजराती : लिलो चंपो, इंग्लीश : ग्रीन चंपा, लॅटीन : आर्टाबॉट्रिस ॲन्सिनॅटस, कूळ : ॲनोनेसी)

हें एक वयर चडपी बरेंच मोटें झोंप. ह्या झोंपाचो प्रसार उश्ण कटिबंधात (आशिया आनी आफ्रिका) जाता. दक्षिण भारतांत आनी श्रीलंकेत हें झोंप रानवटी अवस्थेंत दिश्टी पडटा. हाच्या वंशात सुमार 30 जाती आसात आनी तातूंतल्यो फकत 10 जातीं भारतांत दिश्टी पडटात. ताका केंसाळ आनी फुडें गुळगुळींत अश्यो कंवळ्यो ताळयो आसतात. ताचीं पानां सादीं, एका फाटल्यान एक, मोटव्या देंठांचीं, सदांच पाचवीं, चकचकीत,चिवट, भाल्याभशेन तोंकाचीं आनी गुळगुळीत आसतात. ऑगस्ट ते सप्टेंबर म्हयन्यांत ह्या झाडाक पोपटी,वासाचें, मोटव्या देंठाचें आनी 3-4 सें.मी. लांब एकसुरें वा जोडयेन फूल येता. झोंपाक ल्हान पूण तीन संदलां आसतात. फुलाक स पाकळ्यो आसतात. भितरल्यो तीन पाकळ्यो भायल्या तीन पाकळ्यापरस ल्हान आसतात. ह्या फुलांक केसरदलां आनी किंजदलां जायतीं आसतात.

दरेक किंजपुटांत दोन बियो आसतात. जायतीं घट मृदुफळां मेळून एक घोंसफळ आसता. ताची बी चवकोनी सादारण चेपटी, 1.25 सें.मी. लांब आसून ताचे वटेन

खांच आसता. नव्या झाडाची लागवड बियेपसून वा कलमापसून करतात.

मलाया देशातं पटकीचेर (कॉलरा) ह्या रूखाच्या पानांचो कडो दितात. फुलांपसून काडिल्लो बासाचो अर्क, अत्तर आनी तेल करपाक वापरतात. तशेंच ह्या वासाच्या फुलांचो रूख पोरसांनी लायतात. फिलिपीन्स देशातं वखदां खातीर ह्या रूखाचो उपेग जाता.

चांफ्याचे वैजकी उपाय वैजाच्या सल्लानच करपाक जाय.

**- सं. मं.**

**चामुंडा देवस्थान :** गोंयचें एक देवस्थान. तिसवाडी जुव्यांवेल्या व्हडलें -गोंय गांवचें ग्रामदैवत. 1560त पोर्तुगेज धर्मछळांतल्यान देवतेक वाटावपा खातीर थंयची मूर्त आनी प्रतिकां हांची स्थापना म्हाजनांनी दिवचल म्हालांतल्या वरगांव वाड्यार केली. ह्या देवस्थानांत मुखेल देवतेच्या देवळा सयत सगळीं मेळून चार देवळां आसात. हातूंत मुखेल देवता चामुंडा हिचें देवूळ सगळ्यांत व्हड आसा. चामुंडेचें देवूळ उदेंतेवटेन आसून ताच्या मुखार उक्तें आंगण, माची, उजवे कुशीक श्रीक्षेत्रपाळाची देवळी आसा. दावे कुशीक दीपमाळ आनी तुळशीवृंदावन आसा. दीपमाळेमुखार श्रीनिरंकाराची घुमटी आसा. चामुंडेच्या गर्भागाराचे बसकेर दोन वळींचो संगमरवरी शिलालेख आसा. त्यावेल्यान थंयच्यो लादयो 1935 क मडगांवच्या पांडुरंग वामन शेट आमोणकार हाणें बसयल्यात हें कळटा.

ह्या देवळाचें पुराय बांदकाम गोपाळ शेट गोवेकाराचो पूत भैरशेट हाणें शके 1547 त केलें हें ह्या देवळाच्या कोरीव शिलालेखा वयल्यान कळटा.

देवळाच्या मुखेल दाराचेर आशिल्ल्या कोरीव शिलालेखा वयल्यान शके 1724 म्हळ्यार इ. स. 1801 त देवळांचो जिर्णोद्धार जालो असो समज आसा.

श्री चामुंडा देवालयाचें दावेकुशीक श्री काळभैरव देवळी आसा. ताच्या फाटल्यान देवीची तळी आसा तळयेच्या मध्यभागाक तुळशी वृंदावन आसा. ह्या तुळ वृंदावनाच्या पेडाचेर चामुंडा, काळभैरव आनी क्षेत्र हांच्यो दक्षीण दिके वटेन तोंड करून आशिल्ल्यो मुर्ती आसून ह्यो पुर्विल्ल्या काळांतल्यो आसात. स देवळांत प्रतिश्टीत आशिल्ल्यो नव्यो तिनूय 1801त, देवळाच्या जिर्णोद्धारा वेळार दवरल्या अ अशें मानतात.

वरगांव : दिवचलचे देव-देवता आनी तांची व अशीं :

श्रीचामुंडा : अष्टभुजा आशिल्ली ही कृष्ण शि मूर्त जावन आसा.

श्री काळभैरव - शिलामूर्त

श्रीगोवेश्वर - हे नवे देवळेंत शिवलिंग आनी मु नंदी आसा.

श्री क्षेत्रपाळ - एक शिलामूर्त, ही मूर्त बरीच आसा.

व्हडल्या गोंयांत रावपी सारस्वत, दैवज्ञ, भं नाईक, गोवेकार आनी खोर्जुवें हांगासल्ले पोवळे ह 'भजक' हें नांव आसून ते चामुंडेचे ग्रामस्थ आसात.

ह्या देवस्थानांत प्रसाद लावपा खातीर स्व प्रसादमूर्त ना. मुखेल मुर्तिकूच प्रसाद लायतात. मु मुर्तीच्या पाशाणाक प्रसाद लावपा खातीर करमली पानांचे कुडके वापरतात. प्रसाद मुर्तीच्या 64 जा लायतात.

चामुंडा ही एक शक्ती देवता. तिका दक्षाची 'सती' म्हणूनय वळखतात. सप्तमातृकां मदली ही देवता. ती त्रिगुणात्मिका आसून व्हड पराक्रमी अ देखून सगळे देव संकश्टाच्या वेळार तिका शरण वतात

चामुंडेच्या नांवाचे उत्पत्ती संबंदान पुराणांत दंतकथा चलता ती अशी :

शुंभ निशुंभ दैत्यांनी इंद्रा कडल्यान स्वर्गाचें र

खून घेतलें आनी तेन्ना देवांनी अंबिका देवतेक ायली. अंबिकेन आपल्या पोटांतल्यान एक देवता र्मिली. तिचें नांव आसलें कालिका. कालिकेन शुंभ-शुंभ दैत्यांचो संहार केलो. चंड-मुंडाक मारून ताच्यो कल्यो अंबिकेक भेटयल्यो. त्यावेळार अंबिकेन तिका डाचें मूंड घेवन आयल्या म्हूण संवसार तिका 'चामुंडा' ण वळखतालो असो आशिर्वाद दिलो. त्या दिसा वन सगळे लोक तिका चामुंडा म्हूण वळखुपाक ागले.

चामुंडेचे उत्पत्ती संबंदान पुराणांत आनीक एक कथा ासा.

पुर्विल्ल्या काळार महिषासूर ह्या दैत्यान इंद्राआड ार वर्सा झगडून 'इंद्रपद' मेळयलें, तेन्ना ब्रह्मा - विष्णु - ईशान आपल्या तोंडांतल्यान जी एक देवता निर्मिल्ली चें नांव चामुंडा आसलें. उपरांत सगळ्या देवांनी तिका ापलीं विंगड विंगड आयुधां दिलीं. हिमालयान तिका सपाक शिंव दिलो. उपरांत तिणें सगळ्या आयुधां वरवीं हिषासुराक जिवेशीं मारलो.

चामुंडा देवतेचें वर्णन पुराण ग्रंथांनी अशें आयलां :

**काली करालवदना विनिष्क्रान्तासिपाशिनी।**
**विचित्रखट्वाड्.धरा नरमालाविभूषणा॥**
**द्विपिचर्मपरीधाना शुष्कमांसातिभैरवा॥**
**अतिविस्तारवदना जिव्हाललनभीषणा॥**
**निमग्नारक्तनयना नादापूरितदिड्.मुखा॥**

**अर्थ :** उग्र भाव आशिल्ली, खडग पाश, विचित्र ट्वांग आनी तकल्यांची माळ धारण केल्ली, हतयाचें ामडें पांगुरिल्ली. शुष्कमांसाक लागून उग्र दिसपी, रूंद ांडाची, लळलळपी जिबेक लागून भयंकर दिसपी, खोल ानी आरक्त नदर आशिल्ली. शंख नादान सगळ्यो ढका भरून उडोवपी अशी ही देवता.

दक्षाच्या यज्ञ - कार्यावेळार, दक्षा कडल्यान अपमान ातकच दक्ष-कन्या घरा परती येतना तिका महिषासुरान ाडायली. तेन्ना तिणे महिषासुराक जिवेशीं मारलो आनी ती शंकरा म्हऱ्यांत आयली. शंकराक तिच्या भिरांकूळ रूपाची किळस आयली आनी तिका ताणें मृत्यूलोकांत वचून रावपाची आज्ञा केली. शंकराचे हे आज्ञेक लागून दक्षकन्या सती म्हळ्यार चामुंडा पृथ्वीर येवन रावली. अशी एक आख्यायिका आसा.

- **सं. मं.**

**च्या :** एक लोकप्रिय पेय. च्या च्या सुक्या पाल्याचें (पानाचे) उदकांत शिजोवन काडिल्ल्या अर्कांत साकर आनी दूद घालून हें पेय तयार करतात.

'च्या' हो शब्द चिनी भाशेंतल्या 'चा'' ह्या शब्दा वयल्यान रूढ जाला. इंग्लीश भाशेंतल्या 'टी' ह्या शब्दाचो उगम चीनांतल्या ॲमॉय प्रांतातले बोली भाशेंतल्या 'ट' ह्या शब्दांत आसा. तो अठराव्या शेंकड्याच्या मदी 'टी' असो जालो. चिनी भाशेंतल्यान जपान, भारत, इराण आनी रशिया ह्या देशांत हो शब्द वा असलेच तरेचे दुसरे शब्द रूढ जाल्यात.

च्या ची झोपां 10 ते 17 मी. मेरेन उंचायेच्या वाठारांत वाडूंक शकता. ह्या पिकाची दर वर्सा शेडणी (खुडणी) करतात. ताका लागून झाडांची उंचाय 0.7 ते 1.7 मी. परस चड आसना. 'च्या' च्या झोंपांक खूब पानां आसतात. हीं पानां दाट, पाचवीचार, चकचकीत आसून ती 5.30 सें.मी. लांब आनी 2.5 ते 4 सें.मी. रूंद आसतात. फुलां वासाचीं आनी धवीं आसून तांकां 5-7 पाकळ्यो आसतात. फळ घट्ट आसता. तातूंत 1-3 बियो आसतात. ह्या बनस्पतिची प्रक्रिया केल्ल्या पानांपासून वा पानांच्या चुऱ्यापासून उत्तेजक पेय तयार करतात.

'च्या' ची वनस्पत सादारण 40 वर्सां बरें उत्पन्न दिता. ते उपरांतच्या काळांत उत्पन्न कमी कमी जायत वता. हाका आडवाद म्हळ्यार कांय कडेन 150 वर्सां पिरायेचीं झाडां लेगीत बरें उत्पन्न दितात.

'च्या' च्या पानांचे खुडप केल्या उपरांत ती वेवस्थीतपणान जाता तितल्या बेगीन कारखान्यांत



च्याचो मळो

व्हरतात. कारखान्यांत ह्या पानांचेर वेगवेगळ्यो प्रक्रिया करून जायत्या प्रकाराची 'च्या' तयार करतात. काळी च्या, पाचवी च्या, उलाँग च्या, लेप्टेट च्या, इन्स्टंट च्या, वासाची च्या अशे च्याचे कांय प्रकार आसात.

'च्या' हें संवसारातलें सगळ्यांत लोकप्रिय पेय जावन आसा. जगांतले सुमार अर्देलोक हें पेय घेतात. कोंकणांत, हेर भारतांत तशेंच चडशा देशानी, समाजातल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांच्या घरांत दिसपट्ट्या आहारांत आनी आदरातिथ्यांत 'च्या' क म्हत्वाची सुवात आसा. कोंकणांत चडशे लोक सकाळच्या नाश्त्या वांगडा आनी सांजेच्या खाणा वांगडा च्या घेतात. दक्षिणे कडेन च्या इतकीच कॉफी हेंय पेय लोकप्रिय आसा.

'च्या' हे जिवाक हितकारक आनी उत्साहवर्धक पेय जावन आसा. थोड्या प्रमाणांत च्या पिल्यार थकवो
जाता. मुतूंक लेगीत साफ जाता. आंतड्यो बरे तरेन
करतात. चड प्रमाणांत च्या घेत जाल्यार तातूंतल्या
पदार्थाक लागून अपचन जाता. सर्वसादारणपणान च्
दूद आनी साकर आसता. कांय लोक बीन दुदाची
च्या पसंत करतात. गोड्या मुताचे पिडेकार
साकरेचो च्या पितात.

चीन देशात च्या चो उगम जालो. उपरांत स
आठव्या शेंकड्यांत बौद्ध भिक्षुकांनी जपानांत 'च्या
प्रचार केलो. युरोप देशांत, मध्य आशिया हांगा
ल्हव 'च्या' चो प्रसार जालो. ब्रिटीश लोकांनी 177
वर्सा भारतांत 'च्या' ची लागवड करपाक सुरू
आसाम राज्यांत सगळ्यांत पयली 'च्या' ची लागवड

ी. उपरांत ताचो प्रसार तामीळनाडू, केरळ ह्या यांनी जालो. तातुंतल्यान मोट्या प्रमाणांत 'च्या' ची ावड करपी देश म्हणल्यार जपान , बांगला देश, चीन, ंका, तैवान, भारत, इंडोनेशिया, मलेशिया, उदेंत फ्रिका, तुर्कस्थान अर्जेंटिना, ब्राझिल आनी रशिया. तर तांत आसाम, केरळ, तामीळनाडू आनी बंगाल ह्या यांत 'च्या' च्या पिकाची लागवड मोट्या प्रमाणांत ा. गोंयचें हवामान 'च्या' चे लागवडी खातीर ुकूल ना म्हण गोंयात 'च्या' ची लागवड करीनात.

भारतांत खाजगी उद्देगांत 'च्या' उद्देगाक पयली सुवात सा. भारताक मेळपी परदेशी चलनाच्या पंदरा टक्के ान 'च्या' उद्देगांतल्यान मेळटा. संवसारांत 'च्या' चें ादन, खप आनी वापर तशेंच निर्यात करपा खातीर रताचो पयलो क्रमांक आसा.

रशिया, इंग्लंड, ईजिप्त, इराण, इराक हे देश भारताची ा' व्हड प्रमाणांत आयात करतात. 'च्या' वेपाराची रगत घडोवन हाडपाच्या हेतान 'च्या' कायदो(1953) ोवरवी 1954 वर्सा 'भारतीय च्या मंडळ' (Indian a Board) घडयलें. ह्या मंडळाच्या वतीन च्या संबंधी ोधन करपी संस्थांक, विद्यापीठांक अर्थीक मदत ता. आमाम च्या निगम हो आसाम सरकारान 1971 ापन केल्लो निगम आसामांतल्या च्या उत्पादनाक र्थीक मदत करता.

टोक्काई संशोधन केंद्र हें 1911 वर्सा आसामाक ापन जाल्लें केंद्र आसून हें संवसारांतलें व्हड 'च्या' ोधन केंद्र आसा. ह्या केंद्रांत 'च्या' च्या विविध कारांची लागवड, जमनिची मशागत, मारें, 'च्या' चेर वपी रोग आनी रोग नाशक वखदां, 'च्या' चे लागवडी ातीर लागपी यंत्र सामुग्री अशा च्या उद्देगा संबंदीत टकांचेर हांगा संशोधन चलता.

**पुरक नोंद : गंजन (गवती च्या)**

**- सं. मं.**

**चावडी :** आदल्या काळातलें गांवांतल्या शासकीय कारभाराचें आनी ग्रामपंचायतीचें केंद्रस्थान. तें गांवांतल्या शासकीय कारभाराचें आनी ग्रामपंचायतीचें केंद्रस्थान आशिल्ल्यान भारतीय ग्रामजिणेंत 'चावडी' हे संस्थेक परंपरागत म्हत्व आसलें. गांवचो शासकीय मुखेली, पाटील वा कोतवाल हांची कचेरी हे चावडेंत भरताली.

देवूळ, धर्मशाळा हांचे वरींच ल्हान-मोट्या अशा सगळ्याच गांवांनी चावडी आसताली. गांवगाड्याचे विशय आनी भौशीक वेव्हार हांची भौशीक रितीन भासाभास करपा खातीर, गांवांतले खाजगी वाद, झगडीं हांचो न्यायनिवाडो करपा खातीर लोक चावडेर जमताले. झगड्यांच्या कागाळींची नोंद चावडेर जाताली. कर वसुली खातीर आयिल्लो कारकून, रामोशी, भोंवडेकार गांवांतले चावडेर मुक्काम करताले. चावडेर मनोरंजन करपा खातीर, गजाली करपा खातीर तशेंच भजन कीर्तना खातीर गांवचे लोक जमताले. हालींच्या काळांत समाज मंदीर, समाज-सभाघर हीं रासवळ केंद्रां अस्तित्वांत आयिल्ल्यान चावडेचें म्हत्व उणें जालां.

ग्रामपंचायती भशेनूच व्यक्तीचेर नियंत्रण दवरपी संस्था म्हूण जातपंचायतीक पयलीं म्हत्व आशिल्लें. दरेकी जातीची अशी वेगळी 'जात चावडी' ते ते जातीचे वसतेंत आसताली. जातपंचायतीचे अधिकार आर्विल्ल्या काळांत नश्ट जाले, तरीकूय जातीचे हितसंबंध राखून दवरपाचे गरजेप्रमाण आनी जातीय भावनेक अनुसरून आजूय कांय गांवांनी जातपंचायत आनी जात चावडी अस्तित्वांत आसा.

हालींच्या काळांत भौशीक चावडेक 'पंचायत कचेरी' हें नांव पडलां. गोंयच्यां 'काणकोण' म्हालांतल्या एका वाड्याक 'चावडी' अशें नांव पडलां. ह्या नांवांचो संबंद थंय भरपी आदले चावडे कडेन आसूं येता. अशींच 'चावडी' नांवांचीं ठिकाणां हेर वाठारांनीय आसात.

**- सं.**

**चाळ :** खूप भाड्याचीं बिराडां आशिल्ली घर बांदावळ. भारतांत उद्देगीकरण सुरू जातकच ग्रामीण भारतांतले बरेच कश्टकरी कामगार शारांनी रावूंक गेले. थंय तांच्या राबित्याचे गरजेंतल्यान भोवकुडिंची बैठीं घरां बांदपाची वेवस्था निर्माण जाली. दोन लांबचे लांब समांतर पारे. तांचेमदीं आडवे पारे घालून सम-लांबाय-रूंदायेचे खण आनी फुडल्यान समान एकच व्हरांडो. माथ्यार नळयाचें एकच लांबचे लांब पाखें. दर एका खणाक फुडल्यान एक दार, एक जनेल. एकाच खणा भितर लांकडी वा कापडी आडावणी करून बसपा-न्हिदपा सुवात, रांदपा सुवात, मात्रें (न्हांणी). चाळी भायर कुशीक चार-पांच कुडींचो सामुदायीक संडास. आनी चाळी भायले मेकळे सुवातेर सार्वजनीक उदकाचो नळ. अशी पारंपरीक चाळीची बांदावळ आसली. चाळीनी रावप हें थोडें गैरसोयिचें जातालें आसलें तरी तो शारांत उपलब्ध आशिल्लो सवाय राबितो जाल्ल्यान, कामगार लोकां खातीर तो गरजेचो जातालो.

चाळ मालक चाळींतल्या दर एका बिराडकारा कडसून पागडी (अनामत रक्कम) घेवन उपरांत दर म्हयन्याक बिराडाचें भाडें घेतालो. ते बदला तो चाळिचे जतनायेचो भार उखलतालो. चडशो अशो आदल्यो चाळी चाळ मालकांच्या नांवान वळखताले.



एकेके चाळींत वीस ते चाळीस बिराडकार तां घरच्यां सयत रावताले आशिल्ल्यान चाळ म्हण सामुदायिक आनी सारवळ जिविताचें एक देख देणें आसतालें. पर्थून एके चाळीत चार-पांच राज्यांतले, चा पांच धर्मा-जातीचे लोक रावताले आशिल्ल्यान धार्मीक एकचाराचें दर्शन घडटालें. हिंदु-किरिस्तां मुसलमान आनी हेर धर्मियांचे सण-परबो व्हडा दवा एकत्रीतपणान मनयताले. अशे तरेन ह्या चाळिंची चाळ संस्कृती जावन तिचें आपलें अशें खाशेलें अस्ती आनी खाशेली वळख जाल्ली. ह्याच कारणाक ला चाळ हो जायत्या साहित्यकृतींचो तसो नाटक सिनेमां विशय जालो. मुंबयच्यो चाळी हांचे कडेन कोंकणांतल कश्टकरी लोकांचें भाव-नातें जोडून आसलें. बऱ्या कोंकणवासी लोकांच्या आदल्या पिळग्यांनी आप जिवीत मुंबयच्या चाळिंनी सारून आपल्या फुडल पिळग्यांचें भविश्य घडयलां. चाळींत जावपी सामाजी सांस्कृतीक कार्यावळींतल्यान प्रेरणा आनी प्रोत्सा घेवन फुडाराक वेगवेगळ्या मळांचेर देखदेणें योगद दिलां.

मुंबय धरून सगळ्यांच शारांतल्यो चाळी वचून थ आतां भोव-मजली इमारती आयल्या. चाळींतली ग्रामी अशी उक्त्या मनाची संस्कृती पयस जायत आसा आ तिची सुवात नागरी फ्लॅटाचो बांद मनाची संस्कृती घे आसा.

**पूरक नोंद : कूड**

-स

**चाळण :** एक उपकरण. एकमेकांत भरसल वेगवेगळ्या आकारमानांचे भरड पदार्थ तांचे कमी-चड आकारमानानुसार वेगळे करपा क्रियेक 'चाळण' म्हणटात. हे चाळणे इंग्लिशींत स्टेय (Strainer) वा फिल्टर (filter) म्हणटात. चाळणे क्रिया विविध प्रकारच्या वेपारी उत्पादनांत थारावी

ाकारमानाचे कण घेवपाक वापरूं येता. साकर, रवो, ो, हायपो (सोडियम थायोसफ्टे), कार्बोइड, सोडा श, आयन विनिमयाच्या क्रिये खातीर लागपी रेझिन, मीट, प्लास्टर ऑफ पॅरिस वेगवेगळ्या रंगाचो पिठो शा प्रकारच्या उत्पादनांची वेपारी प्रत तातुंतल्या गांच्या थारावीक आकारमानाचेर (हातूंत थारावीक कारमानाचे कण तशेंच अतिसूक्ष्म कण आशिल्ल्यो ळीव पिठो ह्या दोनांचोय आसपाव जाता) आनी जिनसीपणाचेर अवलंबून आसता. हाका लागून तयार ल चाळून ताची प्रतवारी करूं येता. उद्देगधंद्यांत ळणेची क्रिया यांत्रीक पद्दतीन करूं येता. घरगुती उपेगा तीरच धान्यांचो पिठो, मिरसांगे पिठो (तांबडो) केकाई ह्या सारक्या पदार्थां खातीर चाळणेची क्रिया परूं येता.

खांचीयुक्त वा छिद्रां केल्ल्या धातुंचो पत्रो, विणिल्ली तुच्या सरयांची जाळी आदींपसून चाळण तयार रतात. चाळणीक बुराक चड करून चौकोनी आनी त्राकेन्नाय गोलाकार आनी आयकृतीचे आसतात. डल्यो चाळण्यो लोखंड वा पोलादाच्या पत्र्यांक रावीक आकारमानाचीं छिद्रां घालून तयार करूं येता. ळयेच्यो चाळणी घट्ट पोलादी सरयो विणून तयार रतात. उपेगानुसार जाळयेक लोखंडी वा लांकडी कट बसयिल्ली आसतात. कमी वापराच्यो घरगुती ळण्यो सरयेच्यो वा लोखंडी पत्र्याक छिद्रां घालून तयार रतात. चड करून सगळ्या चाळण्यांतल्यान कण डटात. चाळणेच्या छिद्रांतल्यान आरपार वचपी णांमदले मोटे कण सहज वतात पूण मध्यम आनी ल्हान ाकाराचे कण मात तातुंतल्यान सहज वचनात. चाळण लयतकच कणांक गती मेळटा आनी ते छिद्रांतल्यान कयल पडटात. दंडगोलाकार चाळण्यांक आडव्या दिके डेन चाळप तर सपाट चाळण्यांक हालोवन, गोल वडावन वा मर्दीच हात मारून गती दिवं येता.

ल्हान कणांक छिद्रांतल्यान वचपाक आडखळी तात. हातूंत दोन गजाली येतात. पयली गजाल म्हणचे छिद्रांत कण आडखळप आनी दुसरी गजाल म्हणचे कण एकामेकांक चाळणीक दसप. चाळणीच्या गतीन कण छिद्रांत आडखळपाचो कमी जाता. कांय वेळा दाब दिवन तो कण धुकलचो पडटा. कण ओलो आसल्यार दसपाची क्रिया चड प्रमाणांत आसता. ते खातीर चाळणींत चाळपाक घालपाचे पदार्थ सगळ्यांत पयलीं वतांत सुकत घालपाची गरज आसता.

चाळणीची छिद्रां बंद जावप आनी घर्शणान चाळणीक रोखडीच कळम येवप हे दोन मुखेल दोश आसात. ते पयस करपा खातीर नवे तंत्र वापरतात. सरयांची चाळण तयार केल्या उपरांत तिका रबराचो स्तर दिवन, एनॅमल लायल्यार घर्शण कमी जाता. आनी गुळगुळीतपणाक लागून छिद्रां सहज बंद जायनात. लोखंडी चाळणी चड तापोवन तिका कडकसाण दिवं येता. दोन रबरी स्तरांमदीं पोलादी पत्रो दवरून आनी छिद्रां घालून चाळण तयार केल्यार ती चड बरे तरेन तिगता. अशें दिसून आयलां.

**यांत्रीक चाळणी :** उद्येगधंद्यांतली चाळण्यांची क्रिया यांत्रीक, बेगीन आसता आनी विविध प्रकारच्या मालांच्या वर्गीकरणा खातीर ती वापरतात. मिठासारक्या पदार्थां खातीर 40-60 क्रमांकाची चाळण वापरतात. सादारपणान 100 क्रमांका मेरेन चाळण बरी आसता. पीठ, मैदो ह्या सारक्या विशिश्ट उत्पादनां खातीर मात 200 क्रमांकांची चाळण वापरतात.

खनिजांचे उत्पादन चड प्रमाणांत जाता. ताका लागून सादारणपणान घट्ट लोखंडी चाळणी वा जाळयो वापरतात. चाळपाची क्रिया आनिकूय सोपेपणी जावची म्हण वेगवेगळ्या प्रकारची यंत्रपद्दती वापरतात. ग्रिझली आनी ट्रॉमेल हे दोन चाळपाचे म्हत्वाचे प्रकार आसात. चाळतना खनिजाची गुटली जावची न्हय म्हूण खनिजाच्या प्रकारानुसार, वांगडा प्रवाही द्रव म्हणून उदक वापरतात. खनिज फातरां खातीर पयलीं 'ग्रिझली' आनी उपरांत 'ट्रॉमेल' वापरतात.

आयज चाळणीचो वापर चड जायना. पूण जाय

तेन्नाच जाता (देखीक : पिठांत घोंटेर जायत तर वा तांदूळ, गंव चाळपाक) तशेंच रांगोळी सर्ती जेन्ना आयोजीत करतात तेन्ना कलाकार वेगवेगळें रंग भरपा खातीर प्लास्टीकची चाळण वापरतात.

- **सं. मं.**

**चिकणमाती :** मातयेचो एक प्रकार. बारीक कणांच्या सैमीक आनी थारावीक प्रमाणांत उदक घातल्यार घडणसुलभ जाता, अशा तरेच्या पदार्थाक 'चिकणमाती' अशें म्हणटात.

चिकणमाती हो शब्द फातराकूय वापरतात आनी अवसादी शास्त्रांत कण आकार दाखोवपाकूय वापरतात. फातराचे कण जर चार मायक्रॉन परस कमी आकाराचे आसत जाल्यार तांकां चिकणमाती आकाराचे कण अशें म्हणटात.

अमेरिकेंतल्या सिरेमिक सोसायटीच्या व्याख्येप्रमाण चिकणमाती हो एक खूप बारीक कण आशिल्लो फातर आसून तो वांटून पिठो करतकच ओलो आसतना ताची घडण सुलभ जाता. सुकतकच चामड्याभशेन घट्ट जाता आनी उज्यांत भाजल्यार फातरा सारको घट्ट जाता.

उद्देगीक मळार चिकणमातयेचे सादारण चार प्रकार आसात.

1) चायना चिकणमाती वा कॅओलीन

2) बॉल चिकणमाती

3) उज्याची चिकणमाती (fire clay) आनी

4) बांदकामाची वीट - चिकणमाती

चिकणमातयेच्या खनिजांचो प्रकार मूळ पदार्थांचे संघटन आनी भौतिक रसायनीक वातावरण हांचेर आदारून आसता.

हालींच्या काळांत चिकणमातयेचे उद्देगीक मळार खूबशा स्वरूपांत उपेग जाता. देखीक :- सिरॅमिक्स, बांदकाम, कॅटॅलिस्ट, वेधन पंक (Chiling muel), कागद आनी रबर उद्देगांक भरण म्हण, डिकलराइझर, फाऊंड्री रिफ्रॅक्टरी शेतकाम आदी.

हे मातयेंत पाकीटसाण (चिकटसाण) आनी गंधासारकी विरळ जावपाची क्षमता आशिल्ल्यान तिचो मातयेच्यो मुर्ती, आयदनां करपाक वापर करतात. अशी माती आशिल्ले सुवातेर वचून तिचे गुळे करून घरा हाडटात. हे गुळे थोडे सुकले म्हणटकच मस्तून माती मोव करून घेतात. मोव जाल्ली पाकीट माती जाय तसो आकार घेता आशिल्ल्यान आयदनां, मुर्त्योकरपाक सोंपें जाता. तेभायर चिकटसाणीक लागून माती सुकयले उपरांत तिका वेर वचना. तशेंच मुर्तीचें आंग चोळून चोळून सुळसुळीत करपाक जाता.

आदल्या काळार चवथीच्यो गणपतीच्यो मुर्त्यो, सरस्वती पुजनाच्यो सरस्वतीच्यो मुर्त्योआनी हेर मुर्ती चिकण मातयेच्योच करताले. ही सैमीक माती आशिल्ल्यान मूर्त विसर्जन करतकच तिचे पासून पर्यावरणीय लुकसाण जाय नासलें. सद्याक चिकण मातयेचे सुवातेर असैमीक अशा प्लास्टर ऑफ पॅरीस ह्या मानवनिर्मित पेस्टीपासून मुर्ती व्हडा प्रमाणांत तयार करतात. अश्यो मुर्त्योविसर्जना उपरांत उदकांत सहजतायेन विरगळून वचनाशिल्ल्यान पर्यावरणीय दोश लक्षांत घेवन गोंय धरून जायत्या राज्यांनी पर्यावरणप्रेमीनी तांचेर बहिश्कार घालपाचो उलो मारला. हाचो परिणाम म्हणून गोंय राज्यात अशा मुर्तीचे निर्मिती-विक्रीचेर राज्यांत बंदी घाल्या.

- **सं.**

**चिकन शाकोती :** साहित्य : 1 कि. चिकन, 1 इंच हळद, तिखी, 8-10 तांबड्यो मिरसांगो, 6 मिरयां, 2 कुलेरां तेल, 1 नाल्ल, 1 इंच आलें, 1 ल्हानशी लसणी बोय, 4 लवंगा, 1 लिंबायेदी आमटाण, 2 कांदे, 1 कुलेर साकर, रूचीपुरतें मीठ.

रीत : चिकन निवळ करून ताका मीठ लावन दवरचें. हळद, मिरसांगो, आलें, मिरयां, तिखी हें सगळें बारीक वांटून घेवचें. तातूंतच जिरें, आलें, लसूण आनी लवंगा

रीक धोडावन घालचीं. कांदो बारीक चिरून घेवचो. ल्ल कातून ताचो रोस काडचो. आमटाणीचें उदक रचें.

एका आयदनांत तेल तापत दवरचें. तेल तापल्या तरांत तातूंत कांदो घालचो आनी तांबूस जायसर परतुचो. कनाचे कुडके घालचे आनी तळसुचे. उदक थोडें लचें आनी खतखतावचें. धांपणें धांपून बरें शिजोवचें. कन शिजले उपरांत बारीक वांटून घेतिल्लो मसालो लचो. आमटाणिचें केल्लें उदक घालचें. काडून तिल्लो नाल्लाचो रोस घालचो बरें शिजोवचें आनी जल्या उपरांत सकयल काडचें.

**- सं. मं.**



## चिकी : पळयात → खटखटें

**चिकू :** (मराठी : चिकू, हिंदी : चीकू, कन्नड : चिहू हण्णु, इंग्लीश : सॅपोडिला प्लम, टीन : ॲक्स सॅपोटा)

गोड अशीं फळां दिवपी फळ झाड. 8-10 मी. उंचाय गाशिल्लें हें झाड कोंकणांत सगळे कडेन जाता. चिकूचीं ळां फिकट तपकिरी रंगाचीं आनी वाटकुळ्या नाकाराचीं, 5-6 सें.मी. व्यासाचीं आसतात. कांय ातीचीं फळां लांबट आसतात. फळांतल्यो बियो ाळ्यो चकचकीत आनी मात्श्यो चेपट्यो आसतात. का फळांत चार पांच बियो आसतात. फळ गोड आनी ुश्टीक आसतात. तर तन्नें फळ निबर आसता आनी ब्रवडल्यार तातुंतल्यान दीक येता. चिकुच्या सादारण 2-13 जाती देशाच्या विंगड विंगड वाठारांत ांपडटात. तातुंतल्यो कांय वेंचीक जाती अश्यो : 1) ाळी पत्ती, 2) हळडुवी पत्ती, 3) कलकत्ता व्हडली वा क्रेकेट बॉल, 4) सत्री, 5) द्वारापुडी, 6) किर्तवर्ती.

गुटी कलमां, भेट कलमां तशेंच मृदुकाष्ट कलमां ावन चिकुची लागवड करतात. चिकुचीं कलमां खरिनी' ह्या झाडाचें मूळकांड (root stock) वापरून करतात. लागवड करपा खातीर 10 x 10 मी. अंतराचेर 1 x 1 x 1 मी. लांब रूंद आनी खोल आकाराचीं फोणकुलां मारतात. हीं फोणकुलां एक पांटलो शेणखत जावं कंपोस्ट, एक कि. ग्रॅ. स्टेरामील, एक कि. ग्रॅ. मसुरी फॉस्फेट आनी माती घालून भरून काडटात. उपरांत चिकुचें कलम त्या फोणकुलाचे मदीं लावन त्या कलमाक बडयेचो आदार दितात. अशे तरेन चिकुची लागवड कलमा पासून करीत जाल्यार, कलम लायल्या उपरांत रोखडींच दुसऱ्या वर्सा फळां लागपाक सुरवात जाता. चिकुच्या झाडाक फुलां आयल्या उपरांत फळ तयार जावपाक 4-5 म्हयने लागतात. सादारणपणान वर्सातल्यान दोन वेळा फळां लागतात. चिकुच्या झाडाक रोग जावं कीड व्हडलीशी लागना. पूण सुरवातीच्या काळांत खोडकिड्याचो त्रास जाता. हे किडींची लागण जाल्यार खांदयो सुकतात. केन्ना केन्नाय झाड मरपाची लेगीत शक्यताय आसता. हे किडिचेर उपाय म्हणल्यार पयलीं सुकिल्लीं खांदी कापून उडयतात आनी मागीर एक टक्के बी. एस. सी. 50 टक्के हें मिश्रण करून खांदयांक तशेंच झाडाच्या खोडार सारयतात.

सेलवासा हांगा पुर्तगेजांनी लायिल्लीं 500 वर्सां पयलींचीं झाडां अजून पळोवपाक मेळटात. तर गोंयांत कांय पोरसांनी आनी भाटांनी, कुळागारांनी ह्या झाडाक

सुवात दिल्ली दिसता.

चिकुचीं पिकीं फळां रूचीक आसतात आनी तीं निखटीं खातात. चिकुच्या फळां पसून सुको मेवो, चॉकलेट, चिकू शॅक तशेंच हालवो तयार करतात. हालींसरां तर चिकुचे कुडके घालून तयार केल्ली आईस्क्रीम खावपाक मेळटा. फ्रूट सालाड म्हळ्यारूच कस्टड सारकिल्ल्या गोड खाद्यपदार्थानूय चिकुचे कुडके घालतात. पुजे वेळारूच दोण्यांनी हेर फळांचे कुडक्या वांगडा चिकुचेय कुडके घालतात.

**- सं. मं.**

**चिळल कालो : पळयात → कालो**

**चिचुंदर :** घराच्या आसपास वावुरपी उंदरा सारको एक ल्हान प्राणी. इन्सेक्टिव्होरा गणातल्या सोरोसिडी कुळातलो हो प्राणी आशिल्ल्यान ताचे शास्त्रीय नांव संकस म्युरिनस अशें आसा. ह्या संकस वंशांत वेगवेगळ्यो सुमार 20 जाती आसात.

भारतांत ताच्यो कितल्योश्योच जाती आसून कांय दोंगराळ भागांत, कांय सपाट अशा प्रदेशांत तर कांय घरालागसारच बिळां करून राविल्ले दिश्टी पडटात. तशेंच यूरोप, आशिया, आफ्रिका आनी उत्तर अमेरिका हांच्या उश्ण आनी समशीतोष्ण भागांत आसतात.

चिचुंदराच्या शरीराची लांबी सुमार 15 सें.मी. आसून ताची शेपटी 8 सें.मी. अशी आसा. ताचें मुस्कट (तोंड) लांब आनी तोंकदार आसता. कान गोल आनी दोळे बारीकशे आसून आंगार मोव फर आसता पूण पांय आनी शेपटी हाचेर मात्शे-मात्शे केस आसतात. वयल्या आनी





सकयल्या जबड्यांतले मुखा वयले दोनी दांत है
दांतापरस वेगळे आसून वयल्या जबड्यांतले मुखा वय
दोन दांत वांकडे आसतात. तशेंच सकयल्या जबड्यांत
मुखा वयले दोन दांत लांब आनी मुखार आयिल्ले आ
आडवे आसून तांचीं तोंकां मात्शीं वयर वळिल्ल
आसतात.

तोंकदार मुस्कट आशिल्ली, दाबिल्ले कान आ
मुखारले दांत पळोवन चिचुंदर उंदरा परस वेगळी दिसत
नर चिचुंदराक पार्श्वभागाचेर दोन ग्रंथी आसून ताच्य
स्त्रावाक कस्तुरी सारको पूण उग्र असो वास येता. च
करून प्रजोत्पादन काळात हो वास चड येता म्हण हाव
'कस्तुरी उंदीर' अशें म्हणटात. चिचुंदरीचो रंग सामान्यत
करडो आसता पूण थोड्याचो रंग फिको वा गाड तपकि
आसता.

चिचुंदर दिसभर बिळांत रावता आनी सांजेच्या वेळा
आपल्याक खाण सोदपा खातीर हांगा थंय चूं चूं अस
आवाज करीत फिरता. मनशाक त्रास करपी किडे
किटक, जल्ले हें ताचें मुखेल खाण आसा म्हण चिचुंद
बरी उपेगी पडटा.

उंदरा सारकें रूप आनी उग्रवास आयिल्ल्या ह्य
प्राण्याक पळयल्या बराबर मारचो कसो दिसता. पूण त
निरूपद्रवी आसा.

सगळ्यांत फुडें आवय, तिच्या फाटल्यान तिचें
शेपडी तोंडात धरून तिचें पील आनी दर एक पील
आपल्या फुडें आशिल्या पिलाची शेंपडी तोंडात धरून
जमनीक सरपटत चलता आशिल्ल्यान तांचें चलप एक
माळे सारकें दिसता.

**- सं. मं**

पुरक नोंद : उंदीर

चिट फंड : पळयात → भिशी

**चिटकी - मिटकी :** (मराठी : गवार, गुजराती : गुआर, कन्नड : गोरीकाई, ंदी : गोवार, संस्कृत : बकुची, इंग्लीश : क्लस्टर बीन, टीन : स्यामोप्सिस टेट्रॅगोनोलोबा, कूळ : लेग्युमिनोजी)

एक वनस्पत. ही वर्सभर जियेता. ही वनस्पत सुमार -3 मी. उंचायेर वाडटा. हिचें खोड खाचदार, पानां दली, दांतेरी आनी केंसाळ. हिका ल्हान फुलां फुलतात का सांगो जातात, त्यो मांसाळ, चौकोनी आनी लवंदर नसून त्यो 15 सें. मी. मेरेन लांब आसता. 5-6 बियो, कोनी आनी चेपट्यो आसतात. सांगाची रूच डूकशी आसता. देशी, माखनिया, सोटीया हे स्थानीक कार आसून सदाबहार क्रमांक 52, 93 आनी 47 हीं दारिल्लीं बियाणीं आसात. पुसा सदाबहार आनी पुसा बहार हे प्रकार दोनय हंगामांत पेरपा खातीर योग्य ासात.

ह्या पिकाच्या वाडी खातीर उबेच्या हवामानाची गरज ासा. हिची खरीप आनी उन्हाळी अशीं दोन पिकां तात. उदकाचो निचरो उत्तम आशिल्ली जमीन चिटकी-टकेक मानवता.

खरीप पिकाक दोनदा खुरपणी आनी कोळपणी रतात. उन्हाळी पिकाक दोन-तीन वेळा खुरपणी दितात.

रोग : 1) भुरी : हाका लागून पानांचो पोंदचो भाग वो पडटा. ते खातीर पिकाचेर बोर्डो मिश्रण फवारतात.

2) कीड : ह्या पिकाचेर 10 टक्के बीएचसी भुकटी वारतात.

ह्या वनस्पतीच्यो सांगो रेचक आसून त्यो पित्तप्रकोप ानी रातांदळेपणाचेर गुणकारक थारता. तातूंत अ, ब ानी क हीं जिवनसत्वां आसात. सांगांचो भाजये खातीर ापर जाता. तशेंच चिकटी-मिटकीचे कडुण, हिरवळीचें त आनी डिंक (खळ) हाचें खातीर वापर करतात. धान्य पौश्टीक आशिल्ल्यान तें भरडून, शिजोवन वा कांय वेळ उदकांत भिजत घालून जनावरांक ताचो काडो कसो पियेवपा खातीर दितात. धान्यांत 35-42 टक्के मगज (गर) आसता. तातुंतलो अंकूर काडून, दळून धवें पीठ मेळटा. हाका 'गवार डिंक' हें वेपारी नांव आसा. ताचो उपेग खाद्यपदार्थ, सौंदर्यप्रसादनां, वखदां, कागद हांचे निर्मितींत जाता.

**- सं. मं.**

**चिड्डो :** संस्कृत : तेरणा, मराठी : तेरडा, हिंदी : गुलमेंदी, कन्नड : गौरिहू, इंग्लीश : बाल्सम, लॅटीन : इंपॅटिएन्स बाल्समिना (Impatiens balsamina).

एक फूल झाड . सुमार 30-90 सें.मी. उंचायेची मांसाळ आनी उदकाळ कांड आशिल्ली वनस्पत. ती पावसाच्या दिसांनी सगळे कडेन खूब प्रमाणांत किल्लता. ताका चिड्डी, तिड्डो अशेंय म्हणटात. कांय प्रकारचे चिड्डे आपशींच किल्लता तर खाशेल्या प्रकारांच्या चिड्ड्यांची लागवड करतात. सुमार 15 सें. मी. लांब, दांतेरी, भाल्या सारकीं निमुळतीं, सादी एकाआड एक पानां आसतात.

गुलाबी, तांबडीं, जांभळीं आनी धव्या रंगाचीं चिड्ड्याचीं फुलां तांच्या आकर्शक रूपाक लागून दोळ्यांत भरतात. चिड्ड्यांच्या कॉक्सिनिया ह्या लॅटीन नांवाच्या प्रकारांत पानां दांतेरी आनी फुलां मध्यम आकाराचीं आसतात. जाल्यार ब्रेव्हिकॅलकॅराटा ह्या नांवाच्या प्रकारांत चिड्ड्यां सारकींच पानां पूण फुलां ल्हान आसतात.

रोपे लावन चिड्ड्याची लागवड जाता. मे म्हयन्यांत बी लावन रोपे तयार करतात. सुमार 8-10 सें.मी. उंचायेचे रोपे जाल्या उपरांत पोरसांत रोयतात. चिड्ड्याचीं फुलां जुलय-ऑगस्ट म्हयन्यांत फुलतात.

चिड्ड्यांच्या बियांपसून तेल काडटात. हें तेल जेवणांत आनी दिव्यां खातीर वापरतात. मेंदीप्रमाण

चिडड्यांच्या फुलां-पानांनी नाखटां रंगयतात. चवथीक चिड्डो माटोळेक बांदतात. तशेंच फुलां गौरी, पार्वतीक घालतात.

सांदे दुखप वा वांतीचो त्रास आसल्यार चिड्ड्या पाल्याचो वखदी उपाय जाता. खरोज जाल्यारूय हाचो पालो लायतात.

आदल्या काळांत पाटयेवयलें बरप पुसपाक, तशी पाटी नितळ करपाक चिड्ड्याच्या उदकाळ कांडाचो बरपी वापर करताले.

**- सं. मं.**

**चित्पावन ब्राह्मण : पळयात→ समाज (कोंकणी)**



**चित्ताल, यशवंत :** (जल्म : 3 ऑगस्ट 1928, हनेहळ्ळी - कर्नाटक)

कन्नड साहित्यांत व्हड नामना जोडिल्लो एक कोंकणी भाशीक.

कन्नड साहित्यांतलो एक नामनेचो कथाकार आनी कादंबरीकार. ताचें पुराय नांव यशवंत विठोबा चित्ताल. ताच्या आवयचे नांव रूक्मिणी. ताचो व्हडलो भाव गंगाधर चित्ताल हो एक नामनेचो कवी आसलो. ताचें ल्हानपण गोकर्ण गांवांचे कुशीक आशिल्ल्या हनेहळ्ळी खेड्यांत जालें. ताचें शिकप हनेहळ्ळी, कुमठा, धारवाड, मुंबय आनी अमेरिकेंत जालें. अमेरिकेच्या स्टीव्हन्स इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी संस्थेंत अभ्यास करून ताणें 1972 त रसायनीक तंत्रविज्ञान विशयांत एम. एससी पदवी मेळयली.

सुरवेक 1949 त चित्ताल हाणें कारवार लागीं बाडा गांवांतल्या हायस्कुलांत शिक्षकाची नोकरी केली. उपरांत मुंबयच्या बेकलाइट आनी हॅलम कंपनींत ल्हानशी नोकरी धरली. थंय प्रामाणिकपण, कामाची शिस्त, सतत अभ्यास-संशोधन ह्या गुणांक लागून एक-एक पांवडो वयर चडत तो संस्थेचो विपणन संचालक (मार्केटिंग डायरेक्टर) जालो आनी 1988 त निवृत्त जालो. प्लास्टिक कारखान्याविशीं ताणें बरयल्ले जायते इंग्लीश लेख संवसारांतल्या जाणकारांक मानवल्यात. इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ टॅक्नॉलॉजी आनी प्लास्टिक रबर संस्थेत ताणें अध्यापनाचें काम केलां.

चित्तालच्या काणयांची वाचप्यांनी खूब प्रशंसा केली. ताणें बरयल्ले 'संदर्शन' (1957), 'आबोलीन' (1960), 'आट' (1969), 'आय्द कयगळु' (1976) हे काणयांझेले विमर्शकांचे तोखणायेक पात्र थारले. चित्तालच्या विचारांचेर एम. एन. रॉय, मार्क्स, फ्रॉइड, जीन्स, एडिंग्टन, हेक्केल हांच्या विचारांचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. दर्यादिगे वयलें जिवीत तशेंच खेडेगांवातलें चित्रण आनी थंयचीं पात्रां दिसून येतात. मरणा उपरांत उप्राशिल्ले प्रस्न आनी संबंद सोदून काडपाचे यत्न तो पावला कणकणी करीत आयला. ताच्या काणयांनी आनी कादंबऱ्यानी मदीं-मदीं कोंकणी उतरां तशेंच कोंकणी मनशाचें जिवीत दिसून येता.

1951त, चित्ताल हाका प्लास्टिक तंत्रविज्ञान विशयांत मुंबय विद्यापीठाचें भांगरा पदक फाव जालें. मुंबयची 'इंडियन प्लास्टिक' तशेंच अमेरिकेची रिसर्च ॲण्ड डेव्हलपमेंट' ह्या संस्थेच्या पालवान ताणें युरोप, अमेरिकेची, जपान आनी अस्तंत आशिया देशांची

वडी केली.

ताचें प्रसिद्द जाल्लें साहित्य अशें आसा :- कथासंग्रह दर्शन' (1957), 'अबोलिन' (1960), 'कतेया ळुहुडुगि' (1980), 'बेन्या' (1983), 'सिद्धार्थ' 988), 'कुमरेगे बंद किंदरी जोगि' (1997), ादंबरी : मुरू दरीगुळु' (1964), 'शिकारि' 979), 'छेद' (1985), 'पुरूषोत्तम' (1990), मिक्षा : साहित्यद सप्तधातु गळु, केंद्रवृत्तांत (1997).

ताका प्राप्त जाल्ले विशेश पुरस्कार अशे आसात :-

कर्नाटक साहित्य अकादमी विशेश पुरस्कार, शिकार दंबरी खातीर कर्नाटक साहित्य अकादमी पुरस्कार 981) आनी वर्धमान पुरस्कार (1983), कतेयादळु हुगि कथासंग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार नी महाराष्ट्र सरकार गौरव पुरस्कार, पुरूषोत्तम दंबरीक भारतीय भाशा परिशद पुरस्कार (1993), हित्य सप्तधातुगळु प्रबंध संकलनाक गोरूरू पुरस्कार 2001).

हाचे भायर ताका कर्नाटक राज्योत्सव पुरस्कार, स्ती पुरस्कार, शिवराम कारंत पुरस्कार, टी. एम. पै वंडेशन पुरस्कार, गुरूनारायण साहित्य पुरस्कार, रंजन पुरस्कार फाव जाल्यात.

- डॉ. जयवंत नायक

- सं. मं.

**चित्रंगी** : (मराठी : कामलता, कन्नड : कामलते, इंग्लीश : सायप्रस व्हाईन, टीन : आयपोमिया क्वामोक्लिट, कूळ : ॉन्व्हॉल्व्हुलेसी)

एक फूल वाल . ही वाल वर्सभर जियेता. ती पळोवंक दर, बारीक नाजूक आनी गुळगुळीत आसता. हिचीं नां सादीं आनी पांखा भशेन वेगळायिल्लीं आसतात. चो दर एक भाग रेशाकृती आसता. सप्टेंबर ते डिसेंबर म्हयन्यांत लांब देंठार, सकयले वटेन नळये आकाराचें नी वयर तांबशें वा धवें फूल फुलता. ताच्या बोंडांत चार बियो आसतात.

ही वाल रोवपाक सोपी आसून ती रोखडी वाडटा. देखून ती माटवार, वण्टीर सोबाये खातीर लायतात. पयलो पावस येवन वतकच जून-जुलय म्हयन्यांत बियो रोयतात. सुर्याचो उजवाड बरो मेळ्ळ्यार तशेंच सारें घालून तयार केल्ले जमनींत ही वाल बरी वाडटा. पावसाळो सोंपतकच वाल सुकता.

ही वाल कोंकणांत सगळ्यां वाठारांनी, बागेंत सोबीतकाये खातीर लायिल्ली दिसता. खासा करून वण्टीर वा माटवार चडयिल्ली दिसता.

चित्रंगीच्या पानांचो लेप केंसपुळयेचेर (carbuncle) लायतात. मूळव्याध (बीक) जाल्यार कुटिल्लीं पानां भायल्यान लायतात आनी हून तुपांत घालून खावपाक दितात.

- सं. मं.

**चित्रबोध** : चित्रांतल्यान अक्षरां आनी आंकडे हांचो बोध करून दिवपी पुस्तीका. शिक्षणशास्त्र आनी ल्हान भुरग्यांचें मानसशास्त्र ह्या दोन शास्त्रांचेर आदारीत अशी ही भुरग्यांक अक्षर-वळण आनी आंकडे वळख करून दिवपाची मांडणी आसा.




ल्हान भुरग्यांक सुट्या अक्षरां आनी आंकड्या परस, चित्रांचें चड आकर्शण आसता. तशेंच तांका

चित्रांची वळख सोपेपणीं जाता. तांचे बाळबुद्धीक पेलसारकें गिन्यान दितलो तर तें तांच्या आवडट्या चित्रांतल्यान दिवपाक जाय ह्या सिद्धांतल्यान चित्रबोधाची कल्पना मुखार आयली. संवसारांतल्या सगळ्या भाशांनी भुरग्यांक मुळाक्षरां शिकोवपा खातीर चित्रबोधाचो उपेग जाल्लो मेळटा.

वर्णमाळेंतल्या खंयच्याय अक्षरान सुरू जावपी वस्त वा जीव हांचें चित्र चित्रबोधांत काडटात आनी ताचे मुखार त्या अक्षरान सुरू जावपी उतर बरयतात. जशें 'घ' ह्या उतराची वळख करून दिवपाक घराचें चित्र दिवन ताचे मुखार वा ताचे खाला घर हें उतर बरयतात. भुरग्याक चित्रांतल्या घराची वळख आशिल्ल्यान तें चित्राक पळोवन घर हें उतर तकलेंत हाडटा वा तोंडातल्यान




उच्चारता. घराचें चित्र आनी ताच्या मुखा वयलें 'घ
ह्या उतराचो भुरगें आपूणूच संबंध जोडटा. घराचो 'घ
अशी ताका वळख करून दिली म्हणटकच 'घ' हे उतर त
पयली मनोमनीं शिकता.

उपरांत तोंडातल्यान उच्चारता आनी अखेरे
बरोवपाचो यत्न करता. अशे तरेन चित्रबोधांत दर एक
मुळाक्षराचें चित्र काडिल्लें आशिल्ल्यान त्या चित्रां वरव
ताका मुळाक्षरांचो बोध जावंक पावता. अशे तरे
भुरग्यांक बाराखडीचो अभ्यास घडटा.

हेच पद्दतीन आंकड्याची वळखय चित्रबोधांतल्या
करप जाता. 1 (एक) आंकड्या मुखार एक सुकणें,
(दोन) आंकड्या मुखार दोन बॉल हे पद्दतीन भुरग्यां
आंकड्याची वळख करून दिवप जाता.

आधुनीक काळातं चित्रबोधा वांगडाच रंगीत चित्र
तकटे, लांकडी वा प्लास्टीक ब्लॉकांचेर रंगयल्ली चित्र
उपलब्ध जाल्यात. ताच्याय फुडें वचून इलेक्ट्रॉनिक
माध्यमां वरवीं अक्षर-आंकडे वळख करपाचीं उपकरण
तयार केल्लीं आसात.

हातुंतल्यान, भुरग्यांक, दृक-श्राव्य माध्यमावरव
अक्षर-वळख करून दिवप जाता.

**पुरक नोंद : अंक पटी**

**- सं. म**

**चित्रापूर : मठ :** गौड सारस्वत ब्राह्मण समाजालो एक केंद्रीय मठ. हो मठ कर्नाटकां
उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत, भटकळ तालुक्यांतल्या शिराल
लागीं चित्रापूर गांवांत आसा. ह्या मठाची स्थापना 175
च्या अदमासाक जाली आसूं येता.

हो मठ अश्वलायन शाखेचे ऋग्वेदी सारस्वत ब्राह्म
हांगेलें धार्मीक केंद्र आसा. हे ब्राह्मण सारस्वत ध
संप्रदायाचे शंकराचार्य प्रणीत अद्वैत तत्वाचे अनुया
आसात. चित्रापुर गांवांच्या नावा वयल्यान ह्या मठाच
अनुयायांक चित्रापूर सारस्वत म्हणूंक लागले.



आदल्या काळांत सगळे सारस्वत ब्राह्मण हे स्मार्त थाचे आसले आनी ते कवळें (आदीं कुठ्ठाळी) गोंय ांगच्या गौडपादाचार्य मठाचे अनुयायी आसले. गोंयचे यलीं मुसलमान राजवटींत आनी उपरांत पुर्तुगीज ाजवटीत तेन्ना जाल्ले धर्मांतराचे बाटाबाटींत ते गोंय ोडून दक्षीणेक कारवार, मंगळूर करीत कोचीन भेरेन ावले. तातुंतले कांय जाण उत्तर आनी दक्षिण कॅनराच्या ाठारांतल्या केळदी नायक राजाच्या दरबारांत मंत्री आनी ाधकारी जावन काम करताले. अठराव्या शतमानांतल्या ्का संदर्भा नुसार केळदिच्या ब्राह्मणांनी ह्या सारस्वतांक ांच्या गुरू (स्वामी) संबंधी विचारणा केली आनी तांचो ुरू नासत तर तांकां ब्राह्मण म्हणून ते मानपाक तयार ाजाले.

त्यावेळार तांच्या मूळ पिठाचो,कवळें (कुठ्ठाळी) ाठाचो स्वामी श्रीमत शिवानंद बनारसाक पाविल्लो. ांखिल्ल्या काळा भितर ताका केळदीक हाजीर करप ाक्य नासलें. देखून सगळे सारस्वत गोकर्णा वचून थंयच्या ाहाबळेश्वर देवळांत बसून ताणी देवाक आमचो गुरू दाखोवन दी अशी प्रार्थना करपी अखंडपणान भजन सुरू केलें. तांचे प्रार्थनेक फळ येवन देवान एका प्रार्थना करपी भक्ताच्या सपनांत येवन सांगलें की फाल्यां सांजे तुमकां तुमचो गुरू मेळटलो.

तेप्रमाण कोटितिर्था कडेन तांकां परिश्रम नांवाचो उत्तर प्रदेशी संन्यासी मेळ्ळो. श्रीमत परिज्ञानाश्रम स्वामी ह्या नांवान ताका गुरू (स्वामी) मानलो (1708). ताका कॅनरांतल्या शृंगेरी शंकराचार्या मठाची मान्यताय मेळ्ळी. ताणें उपरांत श्रीमत शंकराश्रम हाचो आपलो शिश्य म्हणून स्विकार केलो. 1739 त बसवप्पा नायक राजान दान दिल्ले जमनीर ताणे गोकर्ण हांगा मठ बांदून थंय भवानीशंकर ह्या सारस्वतांच्या आद्य दैवताची स्थापना केली. उपरांत श्रीमत परिज्ञानाश्रम स्वामीचो निर्वाण जावन ताची समाधी गोकर्णच्या भंडिकेरींत बांदली. शंकराश्रम स्वामी आपल्या शिश्यांच्या आमंत्रणा नुसार गोकर्ण हांगा वचूंक भायर सरलो तेन्ना ताकाआपलो अंत्यकाळ लागीं आयला हाचो साक्षात्कार जालो. तेन्ना तो गोकर्णांक वचनासतनां शिरालीक आयलो. थंयचे नागरकट्टे कुटुंबान

स्वाम्याक दान केल्ला जमनीर ह्या स्वाम्याची समाधी बांदली. हे समाधीचेर श्री भवानी शंकर देवाची प्रतिष्ठापना करून दुसऱ्या चित्रापूर मठाची निर्मिती जाली. आनी सद्याक चित्रापुरी सारस्वतांचो हो केंद्रीय मठ आसा.

चित्रापूर सारस्वत ब्राह्मणांच्या ह्या मठांत अनुयायांक धार्मीक आनी आध्यात्मिक मार्गदर्शन करतात. तशेंच धार्मीक विधी,आध्यात्मिक विधी, संस्कार रक्षण, आशिर्वचन सत्संग, अनुष्ठान आनी आचरण-मूलक मार्गदर्शन हांगच्या स्वाम्यां कडल्यान तांच्या शिश्यवर्गाक मेळटा.

ह्या मठाचे वतीन धार्मीक आनी आध्यात्मीक वावरा वांगडाच सामाजीक वावरय चलता. मठाच्या वाठारांतल्या गरीब लोकां खातीर स्वयं रोजगार येवजण चालीक लायल्या. मठाचे वतीन 'शिवल्लि हायस्कूल' नावाची शिक्षणीक संस्था चलता. आनी थंय गरीब भुरग्यां खातीर सगळे तरेची मदत करून ताका मोफत शिक्षण मेळपाचें तशेंच तांच्यो हेर गरजो भागोवपाचें धर्मदायी कार्य चलता.

वेदांत साहित्य प्रकरण, संगीत महोत्सव, नृत्य-रूपक सारक्यो कार्यावळी, संस्कृत पाठशाळा, गिरेस्त वाचनालय, गोशाळा हे ह्या मठाचे उपक्रम उत्तम रितीन चलता. तशेंच प्राचीन अशे शिलाविग्रह, मूर्ती, शिला-शासन, ताड लेखन हांचो परिज्ञानश्रम स्वाम्यान केल्लो संग्रह वेवस्थीतपणान ह्या मठांत सांबाळून दवरला.

ह्या मठाची वेवस्था पळोवपी चित्रापूर सारस्वत ब्राह्मणांची प्रतिनिधीक अशी स्थायी समिती आसा, आनी ती ह्या मठाचो आर्थीक, धार्मीक आनी सामाजीक वेव्हार, मठाच्या स्वाम्याच्या मार्गदर्शना खाला पळयता. ह्या मठाच्या कारभारांत बरे बदल घडोवन हाडपाक हट्टंगडी शंकर राव, बंटवाळ, प्रभाकर राव, श्री. आर. एन. दिवगी, विनोद मन्नेमडि ह्या समितीच्या अध्यक्षांलें व्हड योगदान लाबलां.

चित्रापूर सारस्वत मठाचे परंपरेंत आतां मेरेन इकरा गुरू (स्वामी) जाले. तातुंतल्या स गुरूंची समाधी चित्रापूर मठांत आनी चार गुरूंची समाधी गोकर्ण, मंगळ… मल्लापूर आनी कार्ला (लोणावळा) हांगा आसा… सध्याचे इकरावे गुरू श्री सद्योजात शंकराश्रम स्वा… आसात.

-अरूण उभय…

- डॉ. जयवंत नाय…

**चित्रापूर सारस्वत : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**चित्रावळ :** जेवणाच्या पानां भोंवतणी काडिल… रांगोळी, मंत्र म्हणीत शिंवरिल्लें उद… आनी देवाच्या नावान पानां भोंवतणी उखलासून दवरिल… अन्नाचे कण, हे भोजनविधीक चित्रावळ म्हणटात. … विधी करून अन्न जेवचें. अशें शास्त्रांत सांगलां. पा… भोंवतणी उलखासून अन्न-कण दवरपाचे विधी… चित्राहुती म्हणटात. हे आहुतींत चित्र, चित्रगुप्त, यम… यमधर्म आनी सगळीं भुतां हांच्या नांवांन आहुती दितात.

आदल्या काळांत जमनीर दवरिल्ल्या पानार जेवपा… चाल आशिल्ल्यान, तेन्ना जेवणाच्या पानार किडी- मु… चडच्यो न्हीं तांकां अन्नाचे कण पानाभायरच मेळचे अ… ही वेवस्था आसली असोय एक तर्क करप जाता.

- सं. …

**चित्राहुती : पळयात → चित्रावळ**

**चिपळ्यो :** एक ताल वाद्य. चिपळ्यां… झ्कुरतर', 'छित्तिका' आ… 'करताल' अशीं हेर नांवां आसात. चिपळ्यो हें वा… शिसम, सायल वा रक्तचंदन हांचे लांकूड वा हतयाच्… दातांपसून तयार करतात. देड ते दोन इंच रूंदायेचे आनी … ते आठ इंच लांबायेचे दोन कुडके घेवन तांची एक व… गुळगुळीत करतात. तर दुसरे वटेक नुस्त्याचो वा है… कसलोय कलात्मक आकार दितात. त्या नुस्त्यांच… तोडांत पितुळच्यो वाटकुळ्यो पातयो बसयतात. दुस…



शीक घुंगरांचो घोंस लायतात. केन्नाय दोनूय कुशींनी तुळच्यो पातयोच बसयतात. चिपळ्यांच्या वयल्या ागांत चिपळ्यो हातांत धरपाक कोंयडे करतात. हाताचो ांगठो एका कुडक्याच्या कोंयड्यांत आनी उरिल्ली चार ाटां दुसऱ्या कुडक्याच्या कोंयड्यांत घालून दोनूय ाडके एकामेकांचेर आपटीतकच चिपळ्यांतल्यान ावाज येता.

चिपळ्यो लांब आनी व्हड आकाराच्यो करून तांच्या ांडांत ल्हान ल्हान झांजो बसोवपाचीय पद्दत आसा. अशे रेन घडयिल्ल्या चिपळ्यांक 'करताल' अशें म्हणटात.

कीर्तन, भजन सारक्या प्रसंगार ताल धरपाक चपळ्यांचो उपेग करतात.

पुराण काळांत वा उप्रांतच्या वारकरी संप्रदायाच्या ाळांत उजव्या हातांत गळ्यांत घाल्लो तंबुरो आनी ाव्या हातान चिपळ्यो वाजोवपाची चाल आसली. पुराण ाळांतलो नारदमुनी 'नारायण', नारायण' असो नाम जप रीत चिपळ्यो वाजयतालो म्हणपाचें नाटक, सिनेमानी ाखयतात. संत तुकारामाचे चित्रण करतांनाय तंबुरो आनी चपळ्यो दाखयतात.

- सं. मं.

**चिपळूण** : कोंकणांतलें एक थळ. रत्नागिरी जिल्ल्यांतल्या एका तालुक्याचें नांव. ही सुवात मुंबयच्यान सुमार 175 कि.मी. आसून दर्या देगेपसून गोवळकोटमेरेन नौकासुलभ आसा. वाशिश्ठी न्हंयेच्या दक्षीण देगे वयल्यान दर्या देगेपसून 40 कि.मी. भितर हें थळ वसलां. चिपळूणच्यान मुंबय-गोंय आनी पुणें-रत्नागिरी मार्ग वतात. हांगा पळोवपा सारकीं सुंदर थळां आसात. श्रीपरशुराम देवस्थान हांगाच्यान लागींच आसा. कुभार्ली घाटाच्या वाटेन सुमार 96 कि.मी. कराड हें सगळ्यांत लागीचें लोहमार्गस्थानक आसा. घाटाच्या मुळसाक आशिल्ल्यान चिपळूण ही एक व्हडली बाजारपेठ जाल्या. कोयना जलविद्युत प्रकल्पाक लागून चिपळूणचे म्हत्व चड वाडलां आनी दिवा-दासगांव कोंकण लोहमार्गाक लागून हाचो आनिकूय विकास जाल्लो आसा. शेत-भात मार्गदर्शक गटाचें हें मुखेल केंद्र आसून हांगा जनावरांचो बरो दवाखानो आसा. हांगा माध्यमीक शाळा, महाविद्यालय आदी शिक्षणीक संस्था आसात.

- सं. मं.

**चिबूड (चिबड)** : (मराठी : टरबूज, संस्कृत : मधुपाक, इंग्लीश : मस्क मेलॉन, लॅटीन : कुकुमिस मेलो, कूळ : कुकुर्बिटेसी)

एक मोसमी फळ. हें फळ वालीक लागता. चिबडाची वाल एक वर्सभर जियेता. ती जमनीर पातळटा. वाल खरखरीत आसता. हिची पानां पाचवीं आसून तीं काळजाआकाराचीं आसतात. हिका रूचीक, सुवादीक, गोड अशे चिबूड फळ लागता. हें चिबूड पयलीं पाचव्या रंगाचें आसता आनी तातुंतलो गर पुरायरितीन पिकतकच तें तांबश्या -धव्या हळडुवसार रंगाचें जाता. चिबडाची वयली साल (भायली साल) मोव वा कठीण,वळींची नक्षी आशिल्ली आनी गुळगुळीत आसता. चिबूड वाटकुळें आसता. फळांतलो गर नारिंगी वा पाचवो, पिठूळ, रोसाळ आनी गोड वासाचो आसता.



ही एका प्रकारची तवशाची जात. तरेकवार आकार आनी रंगाप्रमाण चिबडांच्या प्रकारांची वळख जाता. लखनौचे धवें आनी चित्ता, मद्रासचे अनार, बत्तासा, शेरबत, पंजाबचे 'चुमिआरी' हें चिबडांचें कांय नामनेचे प्रकार आसात. 'फूट' आनी 'टरकाक' हेय चिबडाचे दोन प्रकार आसात. ह्या पिकाक रेब्याची कसदार जमीन लागता. शेणसारें घालून 5-6 बियो घालतात आनी गरजेप्रमाण उदक दितात. लागवडीपसून 3-4 म्हयन्यां भितर फळां पिकतकच काडटात. एका हॅक्टरांत सुमार 8.9 हजार कि. ग्र. चिबडां जातात. चिबडांक चड करून 'एरबिनिया ट्रकीफिला' ह्या सूक्ष्मजंतूपसून नर रोग जाता. ताका लागून संबंद वेल बावता. पानां हळ्ळुवीं जातात आनी निमाणी वेल सुकून वता. हो रोग केन्नाय 'फ्युजेरियम' कवकाक लागून जाता. रोगाचो प्रसार बियांपसून जाता आनी वाल सुकून वता. देखून, रोगप्रतिकारक जातीची वेल लायतात.

कोंकणांत चिबडांचो मोसम पावसांत आसता. चिबडांची लागवड दोंगुल्ल्यांच्या देंवतेर आनी बांदाचेर करतात.

उपेग : चिबूड जेवणा उपरांत मुखशुद्धी खातीर खातात. कांय कडेन चिबूड सोलून तातुंतल्यो बियो काडून खातात. तर कांय कडेन चिबूड सोलून, तातुंतल्यो बियो काडून चिबडाच्यो फोडी करतात. रूची पुरती साकर घालून तातूंत लिंबू पिळटात. उपरांत मात्सो चाळो मारतात. (एकजीव करतात) आनी जेवणा उपरांत खातात. तें रूचीक लागता. चिबडां मुरांब्या खातीर, सरबता खातीर वापरून हवाबंद डब्यांत सुरक्षीत दवरतात.

कोंकणांत चवथीक गणपतीच्या मखरामुखार आशिल्ले माटोळेक हेर फळां वांगडा चिबूड बांदपाची पद्दत आसा. बियांचे तेल हळ्ळुवें, वासाचे, पुश्टीक आनी रूचीक आसता. तें देवाक दिवो लावपाक दिव्यांतूय वापरतात.

चिबडाचें फळ आनी बियो वखदी, शीतळ, मूत्रल (मुतूंक साफ करपी), पुश्टीक, स्तंभक तेचप्रमाण अग्निमांद्य आनी इसबाचेर (eczema )गुणकारी जावन आसात.

- सं. मं.

**चिमणी :** एक ल्हान सवणें. मराठींत चिमणी, संस्कृतांत चटक जाल्यार इंग्लिशींत स्पॅरो म्हणटात. 'पॅसर डोमेस्टिकस' हे चिमणेचें शास्त्रीय नांव. चिमणी बुलबुलापरस ल्हान आसून ताची लांबाय सुमार 15 सें.मी. आसता. चिमणी नर आनी मादी आकारान जरी सारकीं आसलीं, तरी तांचो रंगामदीं फरक आसता.

**चिमणी (नर) :** हाचें माथें आनी फाटले वटनेचो भाग भुऱ्या रंगाचो, मानेचो फाटलो भाग तांबसो, काळपट आनी दोनूय वटेंतलो भाग धवो, पोले धवे, खाडकी, गळो आनी छातयेचो वयलो अर्दोभाग काळो, चोची कडच्यान दोळ्यां मेरेन एक तांबूस काळपट पटो आसता. फाट आनी पाखां तांबूस काळीं, पाखांचेर दोन आडवे धवे पटे, शेपटी गाड तपकिरी.

**चिमणी (मादी) :** दोळ्या वयर तांबूस-धवी रेग. फाट तपकिरी रंगाची आनी ताचेर काळ्यो आनी तांबश्या रंगाचो रेगो, पांखां आनी शेपटी तांबडी आनी काळपट तपकिरी रंग मिश्रीत आसता. पाखांचेर दोन आडवे पटे आनी पोंदचो भाग धवसार आसता.

दोळे आनी चोच तपकिरी, चोंच आखूड, दाट आनी



चिमणी : नर आनी मादी

ट्ट, नराची चोंच गरमेच्या दिसांनी काळ्या रंगाची जाता, ांय तपकिरी,पाखां तितकी घटमूट नाशिल्ल्यान ह्या ावण्याक एकासारकें वयर मळबांत उडूंक येना. जमनीर ावलां तेकयत चलपाक जमना. तो टुणटूण करून उडयो ारतात.

कावळ्याप्रमाण चिमणीय लोकवस्तीत येवन रावता. ेमण्यांचे प्रमाण कांय सुवातींनी कमी प्रमाणांत तर कांय ्वातींनी चड प्रमाणांत आसता. तांचें वावरप अन्नाच्या रवठ्याचेर अवलंबून आसता. ताका लागून चिमणी ाडशी मनशाच्या राबित्यालागीं रावता.

कावळो आनी चिमणी आपआपल्या परीन मनशाक ास दीत आसता. पूण कावळ्या परस चिमणी चड ासदायक आसता. कावळ्याक धांवडायत जाल्यार ात्पुरतो तरी तो दुसरे कडेन वता पूण चिमणेक कितलीय ांवडायल्यार लेगीत ती आशिल्ल्या सुवाते वयल्यान ालना. कावळो घरांत येवपाक भियेता पूण चिमणी मात ाराचीं सगळीं दालनां पार करून रांदचे कुडींत लेगीत भतर सरता. ती इतकी धीट आसा की, मनीस जेवतना ाच्या ताटांतलो पदार्थ घेवन पळून वचपाचो प्रयत्न ागीत करता. चिमणी सर्वभक्षक आशिल्ल्यान मनशान स्वता खातीर रांदिल्ले, शिजयल्लें पदार्थ खाता, सगळीं धान्यां, किडी, नाकतोडो, कापडयो आदी खातात. शेतांतली तयार कणसां खातात आनी तांची नाशाडी करून दवरतात. बाजारांत धान्यांच्या दुकानांमुखार मांडिल्ल्या पाटल्यांतले, साकांतले, टबांतले धान्य चिमण्यो खातना दिसतात. तशेंच आंगणांत कसलेंय सुकत घाल्लें धान्य तीं खावपाक येतात. ल्हान भुरगीं जेवतना खूब कटकटी करतात. अशा वेळार तांच्यो आवयो आंगणांत आयिल्ल्या चिमण्यां कडेन इश्टागत करून आपल्या भुरग्यांक भरयतात.

चिमणेची वीण वर्सातल्यान तीन वेळां तरी जाता. जे सुवातेर घोंटेर बांदृ येता अशें तांकां दिसता ते सुवातेर तीं घोंटेर तयार करतात वा बांदपाचो प्रयत्न करतात. वापरूंक नाशिल्ल्या घरांतल्या मडक्यांनी, झुंबरानी, फास्केच्या फाटले सुवातेर, वणटीच्या बुराकांत आदी सुवातेनी तांचे घोंटेर आसतात. तीं झाडांचेर घोंटेर केन्नाच बांदनात. तण, कागद, लोकर, काथो, कापूस, आंगशे, पिसां आदी पदार्थ वापरून नर आनी मादी मेळून घोंटेर तयार करतात.

घोंटेरे तयार जालो म्हणटकच चिमणी तातूंत तीन-चार तांतयां घालता. तीं धवीं, पाचव्या रंगाची छटा आशिल्लीं आनी वयल्यान तपकिरी थिपके आशिल्लीं आसतात. तांतयांक उब दिवपाचें काम दोगांय करतात आनी पिलां भायर आयलीं म्हणटकच तांकां खावपाक सुरवंट आनी हेर किडी हाडून तांकां खावपाक घालतात. पिलां व्हड जावन तांची पाखां वाडटकच नर आनी मादी तांकां घोंटेरा भायर हाडून उडपाचें शिक्षण दितात.

चिमणेची न्हिदेक वचपाची रीत पळोवपा सारकी आसा. तिळसांजेच्या वेळार चडश्यो चिमण्यो एखाद्या झाडार वा दाट झिलींचेर जमतात आनी एकासारकीं खूब कलकल आयिल्लेवरीं आवाज करीत चिंवचिंवतात. जसो काळोख जाता तसो तांचो चिंवचिंवपी आवाज कमी जायत वता आनी एकदम काळोख जातकच तीं न्हिदेंत वतात.

- सं. मं.

**चिमुलकार रघुवीर गोविंद (1905 - 1948):** चित्रकलेंत भारतीयत्वाचो पुरस्कार करपी एक म्हान गोंयकार चित्रकार. ताचो जल्म वड्डें-कांदोळे (बार्देस-गोंय) हांगा जालो. अनंत हें ताच्या व्हडल्या भावाचें आनी विजया हे भयणीचें नांव आसा. रघुवीर सात वर्सांचो आसतना ताचो बापूय भायर पडलो. रघुवीराच्या पिरायेच्या णव्या वर्सा ताची आवय आपल्या तिगांय भुरग्यांक घेवन मुंबय आपले भयणीगेर रावपाक गेली. फुडें दोन वर्सां उपरांत ताची आवय भायर पडली आनी व्हडलो भाव अनंत हाणे मुंबय नोकरी करून आपल्या भावंडाचें शिक्षण, आपलें लग्न आनी विजयाचें लग्न करून दिलें. रघुवीर अविवाहीत आसलो.

रघुवीराचें सुरवेचें शिकप गिरगांवातल्या चिकित्सक समुहाचे शाळेंत जालें. हे शाळेंत ताचो मावसो दत्तात्रय दांडे शिक्षक आसलो. शाळेंतल्या शिकपापरस रघुवीराचें चड चित्त चित्रकलेचेर आसलें. ताच्या घरा लागीं रावपी अनंत वामन घोटींग ह्या गोंयकार चित्रकाराच्या सहवासांतल्यान ताका चित्रकलेचें विलक्षण आकर्शण निर्माण जालें.

ताची आवड लक्षात घेवन घरच्यांनी ताका मुंबय सर जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हे कलाशिक्षण संस्थेंत रीतसर शिक्षण घेवंक 1924 त धाडलो. हांगा प्रवेश घेवंक ताका चित्रकार ए. ए. भोंसुले हाची मजत जाली. हांगा ताणे एक अत्यंत हुशार विद्यार्थी म्हणून नामना जोडली. जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट चे डायरेक्टर कॅप्टन ग्लॅड स्टन सॉलोमन ह्या ब्रिटीश चित्रकाराचो तो पट्ट शिश्य आसलो. 1929 वर्सा तो डिप्लोमाची परिक्षा वयल्या वर्गांत उत्तीर्ण जालो.

1930-31 ह्या काळांत ताणें 'म्युरल डेकोरेशन' चो अभ्यासक्रम पुराय केलो. ताका 'डॉली कर्सेटजी मेमोरियल कंपिटिशनांत पयलो पुरस्कार फावो जालो. 'वॅडिंग्टन फॉर कंपोझिशन'चो पुरस्कारय ताका मेळ्ळो.

सर्वोत्कृश्ट विद्यार्थ्या खातीर आशिल्लो जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टचो मेयो मेडल ताका 1932 वर्सा मेळ्ळे 1933 -34 आनी 1936 - 37 अशा दोन वर्सा खाति ताची थंय फेलो म्हणून निवड जाली. 1931- 4 काळातं पुणे, मुंबय, दिल्ली, सिमला, म्हैसूर हां भरिल्ल्या प्रदर्शनांनी ताचे कलेची जाणकारांनी बरी तुस्त केली. 1934 त लंडनांतल्या बर्लिग्टन गॅलरी आनी 1937 त रॉयल इन्स्टिट्यूट ऑफ द ब्रिटी एम्पायर ओव्हेरसीस इक्झीबिशन प्रदर्शनांत ताचीं चित्र ताचे आगळे शैलीक लागून बरींच गाजलीं. ह्या सुमाराक मुंबयच्या मेट्रो थिएटरांतल्या कांय वण्टीचे ताणे चित्रां काडलीं. आगस्ट 1939 त ताणे मुंबय गिरगावांत 'चिमुलकर्स कम्पोझिशन क्लास' नावाच चित्रकलेचें शिकप दिवपी खाजगी वर्ग सुरू केलो. ह क्लासाक विद्यार्थ्यांचो खुबूच बरो प्रतिसाद लाबलो. फु उपरांत चिमुलकार हाचे इबाडिल्ले मनस्थितीक लागू शिकवणीचेर दुर्लक्ष जाल्ल्यान 1940 च्या उत्तरार्धांत ह वर्ग बंद पडलो.

ताच्या चित्रांचें खाशेलेपण म्हणजे ताची अजो कल्पनाशक्त, जोडयेक अप्रतिम कुशळकाम आन विलक्षण गूढभाव. चित्राची रचना, ल्हव पीक रंगसंगत रेशेचें लालित्य आनी हातूंतल्यान जावपी भावोत्क आविश्कार. हातूंतल्यान ताणे स्वताची अशी आगळ 'चिमुलकारी शैली' निर्माण केली. आनी तिका चि वर्तुळांत कलाकारां कडसून मान्यताय मेळ्ळी. तेन्ना मुंबयत विकसीत जाल्ले 'बॉम्बे रिव्हायव्हलीस्ट स्कूल हे चित्रकलेचे चळवळींत ताणे आपली स्वतंत्र सुवा निर्माण केली आनी भारतीयत्व ह्या आपले चित्रकलेच्य स्थायी भावा कडेन अखेर मेरेन एकनिश्ट रावलो.

1940त ज्योत्स्ना मासिकांत बरयल्ल्या चित्रकल संबंदीच्या लिखाणांत ताणें हें संबंदी आपलें मत फुडल्य उतरांनी सांगलां.

'सर्व जगभर ज्यांना ज्यांना राष्ट्र म्हणून जगावया आहे, त्यांना त्यांना आपापली संस्कृती कायम ठेवाव लागेल. त्यांना त्यांच्या भाषा, सवयी, चालीरित

ांच्याविषयी प्रेम असते, व ते त्यांचे एक वैशिष्ट म्हणून मजण्यांत येते. म्हणजेच 'सत्व' कायम राखण्यास रकीयांचें अंधानुकरण उपयोगी नाही."

चित्रकलेंत कुशळ आनी चित्रकले संबंदी धीट विचार गशिल्ल्या ह्या मनस्वी कलाकाराची मनस्थिती बाडिल्ल्यान ताचे भलायकेचेर परिणाम जालो. उपचारा ब्रातीर ताका ठाण्याच्या मेंटल हॉस्पीटलांत भरती केलो. ांयच ताणे निमणो स्वास घेतलो. चिमुलकाराचो कांय चेत्रांचो संग्रह जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट, मुंबय हे संस्थे कडेन आसा. गोंयांत श्रीमती शशीकला काकोडकार हेंच्या वैयक्तीक संग्रहातय ताची कांय चित्रां आसात.

- सं.

**चिरको** : एक वनस्पत. लॅटिनांत तिका Dioscorea alata म्हणटात. Dioscorea ce ae ह्या कुळांतली ही वाल, हेर झाडाच्यां आदारान वयर चडटा. ताची पानां पाचवीं आसून तीं काळजा आकाराचीं आसतात. हे वालीक कारांद्याभशेन गूण ताचे परस ल्हान फळ जाता. ताकाच चिरको म्हणटात. हें फळ पिठूळ आसता.

उपेग : ह्या फळाचो उपेग भाजयेंत वा खतखत्यांत करतात. तशेंच तें उकडून वा भाजून खातात.

ह्या वनस्पतीचो उपेग बीक (मूळव्याध) आनी कुष्टरोगाचेर जाता.

वयर सांगिल्ले वखदी उपाय करचे पयलीं दोतोराचो सल्लो घेवचो.

- सं.

**चिवडो** : एक खाण : लागपी जिन्नस - अर्द किल दाट फोव, तळपा खातीर तेल वा तूप, दोन वाटयो भाजिल्लीं भिकणां, एक वाटी फुलयल्ली दाळ, सुक्या नाल्लाचे कातलेचे पातळ कुडके, पाव वाटी तीळ, करबीलाचो पालो, वीस-पंचवीस हरव्यो मिरसांगो, एक व्हडलो चमचो ओवो, दोन आमसोलां, दोन व्हडले चमचे कोथमीरो पिठो, एक चमचो हळदीचो पिठो, दोन वाटयो बियो.

**फोडणीचे जिन्नस** : (हिंग, सासवां,करबीलाचो पिठो), रूचीपुरतें मीठ आनी साकर.

**खाण करपाची पद्दत** : तेल वा तूप बरें तापोवन, तातूंत फोव तळून घेवचे. सुक्या नाल्ल्याच्या कातलेचे कुडके, भिकणां, विंगड विंगड तळून घेवपाचीं. तेच प्रमाण हरव्या मिरसांगाचे कुडके, करबीलाचीं पानां आनी आलें किसून वेगवेगळें तळून घेवचें. तीळ भाजून घेवचे. मागीर हिंग, हळदीचो पिठो आनी सासवां घालून फोण्णां दिवचीं. आनी तें आयदन उज्यावेल्यान सकयल काडून तातूंत तळिल्ले फोव आनी फुलयल्ली दाळ आनी वयर सांगिल्ले सगळे जिन्नस घालचे. रूची पुरतें मीठ आनी साकर (पिठीसाकर आसल्यार चड बरें) घालची आनी बरें एकठांय करून चाळचें.

तळिल्ल्या फोवांचो चिवडो होच प्रकार चड करून गोंयात करप जाता. आतां नव्या नव्या तरेन, हेर वाठारांनी असलो चिवडो करप जाता. मागीर सुक्या कच्च्या पातळ फोवांचो, फुलयल्ल्या फोवांचो, फुलयल्ल्या मक्याचो (कॉर्नफ्लेक्स), फुलयल्ल्या मसुरीचो जावं हेर कड्डुणाचो चिवडो करतात.

**1) कच्च्या फोवाचो चिवडो** -

लागपी जिन्नस - अर्द किल पातळ फोव, हेर जिन्नस तळिल्ल्या फोवाच्या चिवड्याभशेन घेवप.

**खाण करपाची पद्दत** - फोव पातळ आसचे. थोडेशें तूप घालून ताचेर हे फोव कुरकुरीत जाय म्हणसर मंद भाजून घेवपाचे. मागीर तळिल्ल्या फोवाच्या चिवड्याभशेनच सगळें जिन्नस घालपाचे आनी कृतीय तशीच करची. आवडी प्रमाण जिन्नस आनी ताचे प्रमाण चड-उणे केल्यार चलता.

**2) फुलयल्ल्या फोवांचो चिवडो** -

**लागपी जिन्नस** - दोन शेर फुलयल्ले फोव (खोर्नार फुलयल्ले), हेर जिन्नस आनी खाण करपाची पद्दत तळिल्ल्या फोवाच्या चिवड्या भशेनच.

**खाण करपाची पद्दत** - ह्या चिवड्याची पद्दत तळिल्ल्या फोवाच्या चिवड्या भशेनच करपाची. फकत हया चिवड्यांत फोव तळपाचे नासतात. ते फुलयल्लेच आसतात. ताका फोण्णां दिवपाचीं.

आतां कांय कांय चिवड्यांत तळिल्लो कांदो, भिजयल्लीं कङ्गुणां तळून आनी मसालो तळिल्ल्या फोवाच्या चिवड्या भशेन घालता.

तिरंगी चिवडो, नाशिक चिवडो, चिरमुल्याचो चिवडो करप जाता. चिवडो हो च्या वांगडा खावपाचो जिन्नस. दिवाळी, चवथ अशा वेळार फराळांत हो जिन्नस आसताच. धार्मिक कार्यावळीत जावं लग्ना वेळारय हे जिन्नस करप जाता.

**- सुधा सु. आमोणकार**

**चींच :** मराठी : चिंच, हिंदी : अमली, गुजराती : आमली, कन्नड : अमला, संस्कृत : तिंतिण, इंग्लीश : टॅमॅरिंड, लॅटीन : टॅमॅरिंडस इंडिका)

आमटाण दिवपी एक रूख. चिंचेचो रूख मोटो पूण ताची पानां मात सामकीं बारीक आसतात. जायतीं वर्सां मेरेन जगपी हो रूख सुमार 24 मी. उंचायेचो आसता. आनी घेरान सुमार 7 मी. मेरेन वाडटा. ह्या रूखाचीं पानां 'पेरिपीनेट' (Peripinnate) पद्दतींची आनी सादारण 15 सें.मी. लांब आसतात. भितरल्या बारकेल्या पानांची लांबाय सादारण 8-30 मि.मी. आसतात. तर रूंदाय 5-10 मि. मी. इतली आसता चिंचेच्या रूखाक धाकटुली अशीं हळडुवीं फुलां फुलतात. चिंचेच्या फळाची लांबाय 7.5 ते 20 सें.मी. आसता आनी रूंदाय 2.5 सें.मी. चिंचेच्या फळांक, तीं बोटासारकीं लांब आनी पेरापेराची आशिल्ल्यान, चिंचेबोटां अशें म्हणटात. आकारान व्हड आशिल्ल्यां चिंचे बोटांक कोंगलां म्हणटात.

चिंचेचे दोन प्रकार आसात. चॉकलेटी रंगाची चींच आनी तांबड्या रंगाची चींच. पयलेक चड आंबसाण आसता. हे चिंचेचो वापर सुकोवन आमटाण म्हूण करतात. चड उत्पन्न दिवपी चिंचेच्यो खास अशो जाती



नात. सद्याक चडसो थळाव्या जातींचोच वापर करतात.

चिंचेचे लागवडी खातीर खास अशे जमनीची गर[ज] आसना. खडपी जमनींत लेगीत चिंच बेस बरी जाता. त[र] पूण गाळाची (Alluvium) जमनी चिंचेक चड मानवता चिंचेची लागवड बियांपसून म्हळ्यार चिंचारे लाव[न] करतात. तशेंच थेट कलम वा गुटी कलम लावनू[न] करतात. रोप तयार करपा खातीर गादी वाफ्याचेर चिंचा[रे] किल्लत घालतात. चिंचारे किल्लून येवपाक सादार[ण] 10-12 दीस लागतात. एप्रिल म्हयन्यांत चिंचा[रे] किल्लत घालतात. म्हणल्यार जुनाचो पयलो पाव[स] पडपा वेळार रोंपयो लावपाक मेळटात.

चिंचेचे लागवडी खातीर 1 x 1 x 1 मी. लांब, रूं[द] आनी खोल अशे फोणकूल खणटात. ह्या फोणकुलां[त] एक कि. ग्रॅ. मसुरी फॉस्फेट, 1 कि. ग्रॅ. स्टेरामील तशेंच एक खोंटलो कंपोस्ट वा शेणखत घालतात फोणकुलांच्या मदीं रोंप वा कलम लायतात आनी मागी[र]

क बडी लावन रोपाक वा कलमाक आदार दितात. नेवारी ते मार्च इतले भितर चिंचो पिकतात. चिंचेचीं नां मात शेताक बऱ्याक पडटा. शेता धडेर चींच आसत ल्यार चिंचेच्या पानांच्या साऱ्यान शेत बरें जाता. चेच्या रूखाक किडीचो वा रोगाचो व्हडलोसो त्रास यना. हो रूख खूब वर्सां जियेता. 150 ते 250 वर्सां रायेचीं चिंचेचीं झाडां आजूनय पळोवंक मेळटात.

चिंचेपासून जी आमटाण मेळटा ती जेवणा खाणाच्या नसांत रूच येवपा खातीर वापरतात. हुमण, चटणी, जी ह्या पदार्थांनी आमटाणीचो वापर करतात. मटाणीचो तशेंच चिंचेच्या पानांचो आनी सालीचो रग बऱ्याचशा वखदांनी करतात. उबाळांच्या दिसांनी टांत शितळसाण उरची आनी गर्मेचो त्रास जावंचो न्हय णू आमटाणीचें सरबत करून पितात. चिंचाऱ्याची ळ कांय कारखान्यांनी वापरतात. गिरणींतल्या पडाक लावपाक आनी कांबळीक निबरसाण हाडपाक खळीचो उपेग करतात. चिंचाऱ्यापसून जें तेल मेळटा, कांय प्रकारचें रंग तयार करपा खातीर वापरतात. नांचो उपेग 'सावळ' म्हूणय करतात. सोरो, भांग हांचे रक्या मादक पेयांपसून चडिल्ली नशा, आमटाणीचें रबत घेतल्यार थोड्या प्रमाणांत देंवता. घरा खावपा ातीर जी चींच दवरतात तिचें चिंचारे काडून ते चिंचेंत डें मीठ घालून तिचे गुळे करून दवरतात आनी चिंचारे जून खातात. ह्या चिंचाऱ्याचें पीठ केल्यार पालवी हार म्हूण ताचो उपेग करूं येता. भेळपुरी सारक्या नसांत चडांत चड हे आमटाणीच्या उदकाचो वापर ाता. हालीसरा हे आमटाणी पसून तयार केल्ल्यो ॉकलेटी बाजारांत येवपाक लागल्या. ही चींच ल्हान-ान भुरग्यांक तशेंच जाणट्या नेणट्यांकूय खावपाक ावडटा. गुरवार बायलेक जेन्ना आंबट खायन दिसता न्ना ती चींच खावन आपले दुवाळे भागयता. पितम खरजुपी तांबडी दादडां) येता तेन्ना आमटाणीचें उदक येल्यार आनी आमटाणीचो लेप दादडांक लायल्यार तामिचेर इलाज जाता.

चिंचेच्या रूखाचे सालींत जे टॅनीन आसता ताचो उपेग जनावरांची कात कमोवपा खातीर करतात. चिंचेचें लांकूड जड आनी टिकाऊ आसता. ताका लागून हें लांकूड फर्निचर तयार करपा खातीर वापरतात. चिंचेच्यो बियो म्हणल्यार चिंचारे भाजून वा मिठाच्या उदकांत फुगोवन खातात. पाडव्या दिसा कोडुलिंबा पानांपसून काडिल्लो रोस पिवपा बदला कांय जाण कोडुलिंबाची पानां, चींच (आमटाण) आनी गॉड घालून चटणी करतात आनी खातात.

**- सं. मं.**

**चीप :** दर्या-न्हंयच्या खाडींनी, विशेश करून देगे वयल्या भाटींनी (चिखलांत) हें झाड सैमीक रितीन जाता. सुमार आठेक मिटर उंचायेच्या ह्या झाडाक दाट वाटकुळीशीं पांचवीचार पानां जातात. ह्या झाडाक पेराच्या आकाराचीं फळां जातात. तरनी फळां पांचवीं तर पिकिल्लीं फळां फिकट पांचवी, हळडुवीं आसतात. गच्च गरान भरिल्लीं फळां रूचीक आंबटसार आसतात. खावपा खातीर फळांचो वापर क्वचीतच जाता. लांकडाचो वापर जळावा खातीर करतात. न्हंयच्या उदकाक लागून न्हंयच्या देगांची तशें देगांनी उबारिल्ल्या बांदाची व्हांवून जावपीं झीज हीं झाडां आडावन तांचें रक्षण करतात.

**- सं. मं.**

**चुडी पुजा :** कर्नाटकांतल्या कोंकणी सवायशिणींची एक व्रत पुजा. कर्नाटकांतल्यो, विशेश करून गौड सारस्वत ब्राह्मण, वाणी, आचार्य आनी शेट समाजांतल्यो बायलो, हें व्रत करतात. ह्या व्रतांत, फुलां आनी दुर्वांच्यो चुडी (जोडयो) तुळशीक अर्पण करतात. तशें सवायशिणी बायलो त्यो एकामेकांक वांट्टांत. हाचे वयल्यान ह्या व्रताक चुडी पुजा म्हणटात. ही पुजा श्रावण म्हयन्याचे चार शुक्रार आनी चार आयतार करतात. हे पुजेंत तुळस आनी सूर्य



हांची पुजा करून बायलो आपल्या घोवाक दिर्घायुश आनी आपणाक वैभव मागता.

हे पुजे फाटली दंत कथा अशी आसा : जालंदर नावाचो पराक्रमी पूण दुश्ट राजा संवसाराक सतायतालो. ताची वृन्दा नावाची बायल आसली आनी ती पतिव्रता आशिल्ल्यान तिच्या घोवाक मरण येनासलें. पिडेस्त देवांनी विष्णूक जालंदराचो बंदोबस्त करपाची विनंती केली. विष्णून जालंदराचे रूप घेवन वृन्दाची दिशाभूल करून तिचें पातिव्रत्य नश्ट केलें. तें नश्ट जायनाफुडें जालंदराक झुजांत मरण आयलें. विष्णून संवसाराच्या कल्याणा खातीर हें कर्म केलां ते जाणून वृन्दान विष्णूक भोगसणी दिली. श्रावण म्हयन्यांत तुळशिची पुजा करून आपले गेल्लें पातीव्रत्य परत जोडचें अशे विष्णून वृन्दाक सांगलें. ते प्रमाण तिणे तुळशीची पुजा केली. तेन्नाच्यान हे चुडी पुजेची प्रथा सुरू जाली अशें मानतात. तशेंच तुळशीक वृंदावन तेच खातीर म्हणटात अशें समजतात.

हे पुजेंत सुगंधराज, मिट्टाय फूल, रातफूल, कयला, धोलो, रत्नगंधी आनी दुर्वा हे पुजे खातीर गरजेच्यो मानतात. हीं फुलां आनी दुर्वा हांची सोबीत कायेन केल्ल्या जुडयांची एका तबकांत मांडणी करता. सकाळीं न्हावन धुंवन सवायशिणी बायलो जुडयांचे तबक आनी हळ कुंकू, गंध, उजवाती, अक्षत पान सुपारी, कलश, निवेद अ पुजेचें सामान घेवन तुळ कडेन वता. ह्या दिसा क बायलो कडक उपास धरता कांय बायलो उपासाक चल अशें खाण खाता. पुजे सुरवात करचे पयलीं, घराच दारांत रांगोळी घालतात. पुजा तुळशी वृन्दावना करपाची आशिल्ल्यान वृन्दावना मुखार कलश दवरू आदीं हळद कुंकू-गंध लावन कलशाची पुजा करत कलशांतल्या उदकांत अक्षता, कुंकू आनी फुलांच पाकळ्यो घालता. कलशांतलें हें उदक पांच फाव तुळशींत ओतता. ताच्या फाटल्यान चुडी, पान-सुपा (विडो) तुळशींत दवरता. तुळशीक आरत दाखयत निवेद दाखयल्या उपरांत बायलो हातांत अक्षता घेव तुळशीक भोंवताडे काडटा. दर एका भोंवताड्या तुळशीचेर आनी सूर्याक उद्देशून मळबा वटेन अक्ष उडयता. तुळशीची पुजा जातकीर मागीर घराच हुंबऱ्याची (प्रवेश दाराची) हळद कुंकू लावन, चु दवरून आनी पांचवेळां अक्षता उडोवन पुजा करत उपरांत आरत दाखयता. उपरांत घरांतल्या देव्हाऱ्यांत देवीमुखार चुडी दवरून आरत दाखयता.

उपरांत फुडली चार सत्तकां सवायशिणी बायलो ह चुडी एकामेकांक दिता. खासा घरा कडेन वचून वा देवू सारक्या सुवातींनी मेळटा तेन्ना हें दिवप-घेवप जाता. आत पोस्टानय चुडी धाडपाची प्रथा सुरू जाल्या.

लग्न जाल्या उपरांतची पयली चुडी पुजा आवय घ करची आसता. तेन्ना घोवा-घरच्यांक आवयघ

पयता. दुसरे चुडी पुजेपासून फुडल्यो पुजा घोवा-घरा ता. रांडाव बायलेक पुजेंत सहभाग आसना तरी पुजा तकीर तिचो मान म्हणून तिका पान-सुपारी चुनो दिता.

कर्नाटकांतली ही चुडी पुजा (तुळस पुजा) गोंयांतले वण म्हयन्यांतले आयतार पुजेक लागीं दिसता. आयतार तली पत्री, दुर्वा, फुलां, उपास, निवेद आनी तिचो त्राच्या दिर्घायुश्याचो संदर्भ, चुडीपुजे सारको आसता. डी पुजेंतली चुडिंची देव घेव गोंयांतल्या हळदी क्रमातल्या वायणांतले देव घेवीप्रमाण दिसता. आनी ष्णू-जालंदर-वृन्दा ही पुजे संबंधीत कथा, गोंयांतल्या ळशी -लग्ना (व्हडली दिवाळी) फाटले कथेक धरून सा.

- सं.

**पुरक नोंद : 1) आयतार पुजा 2) तुळस**

**चुनो :** शंख, शिपयो, करपां सारकिले कॅलशियमयुक्त पदार्थ खोर्नांत (भट्टेंत) जून केल्लो पिठो. कोंकण वाठारांत अशा पदार्थांपसून नो करता आसलो तरी भारताच्या हेर वाठारांनी आनी वसारांत हेर कडेन कॅलशियम-कार्बोनेटयुक्त नीकरितीन तयार जाल्ल्या चुनखडी फातरांपसूनय चुनो ार करतात.

शंख, शिंपयो, करपां, चुनखडी सारके पदार्थ एका र्नांत भाजतात. हें खोर्न माती वा विटांचे वाटकुळें वा वकोनी आकाराचें बांदकाम आसता. ताचें वयले वटेन ड उक्ते आसता आनी सकयल तळा कडेन खोर्न टोवंक, फुकूंक आनी तयार जाल्लो चुनो भायर काडूंक र पांच बुराक दवरतात. ज्या पदार्थापसून चुनो तयार रपाचो आसता ते पदार्थ वयल्या तोंडातल्यान खोर्नांत राथरांनी दाळतात. एक थर पदार्थाचो तर दुसरो थर ळणाचो (लांकडा, कोळसो, सारकिल्ल्या इंधनाचो) शें थरार थर करीत सगळ्यांत वयलो थर जळणाचो वरतात. अशे भरिल्ल्या खोर्नांक सकयले वटेन आशिल्ल्या बुरकांतल्यान पेटयतात. जसो जसो जळण पेट घेता तशें तशें खोर्नांतलें तापमान वाडत वता आनी ताच्यां दाहान चुन्याचे पदार्थ भाजून तांचो अचळयपणान चुन्यान भरिल्ले गुठले तयार जातात. ही प्रक्रिया सुमार 70 ते 75 वरां चलता.

खूब आदीं सावन चुन्याचो उपेग बांदकामां खातीर संयोजक म्हणून करताले.

चुन्यांत आशिल्ल्या रसायनीक गुणांक लागून उदकांत भिजयल्लो चुनो सुकलो म्हणटकच तो बांदकामाक घटसाण हाडटा. चुनो, उदक आनी रेंव हांच्या मिश्रणाची पेस्ट बांदकामाच्या मुखेल घटकांमदीं (फातर, विटो, चिरे) घाली आनी उपरांत ती वाऱ्यान सुकली म्हणटकच ह्या मिश्रणाचें एक घट अशें संयोजन जावन बांदकामाक बळकटी येता. 4500 वर्सां आदीं इजिप्तांत चुन्याचो वापर करून उब्यो केल्ल्यो पिरामिडांच्यो बांदावळी आयज लेगीत शाबूत आसात. बायबल ह्या ख्रिस्ती धर्मग्रंथात चुन्याचो उल्लेख आसा. संवसारांतल्या सगळ्यांत पोरण्यां बांदावळींनी चुन्याचो वापर केल्लो म्हणपाचें सिद्द जालां. आदल्या काळातं वण्टीक गिलावो आनी धवो रंग काडपाकय चुनो वापरताले. साकर, तिखें, कागद सारकिल्ल्या उद्देगीक निर्मितीत शुद्धीकरणाचे प्रक्रियेंत चुन्याचो वापर जाता. पान-तंबाकू खावपी लोक ताचें वांगडा चुनो खातात. आंगाक दुखिची सूज आयली तर सुजिल्ल्या आंगाक चुनो लायतात. चुन्यापरस सशक्त अशा शिमीटाची निर्मिती आनी ताचो वापर जायत सावन संयोजक म्हणून चुन्याचो वापर सामको बंद जाला. वण्टीक गिलावो आनी रंग काडपाचेय आधुनीक पदार्थ उपलब्ध जाल्ल्यान चुन्याचो वापर उणो जाला.

- सं.

**चुरको दिवप :** आदल्या काळांतलो एक गांवठी वैजकी उपचार. हो उपचार करतकीर आंगाक पडपी चुरचुऱ्या वयल्यान वा ह्या उपायांतल्या हून तेलाच्या चूरचूर आवाजा वयल्यान हाका

चुरको दिवप म्हणटात आसूं येता. मनशाक कांटो, कंवची, गुणो, खिळो वा हेर कसलीय वस्तू तोंपून घावो जालो वा घाव्यांत पूं जालो तर घावो - पूं जाल्लो भाग पुलाण्याक (इबाडाक) येता. असल्या दुखऱ्या भागांत गरम तेलाचे थेंब सोडटा ताका चुरको (गरमी) दिवप म्हणटा. ह्या चुरक्यान घावो भाजून येता जाल्ल्यान तो बेगीन पेखता. हो चुरको दिवपाची एक खाशेली क्रिया आसा.

एक सुकी मिरसांग घेवन, तिच्या देंठा कडेन ल्हानसो बुराक करता. ह्या बुराकांतल्यान मिरसांगेंत खोबरेल तेल घालता. तेलाचे मिरसांगेचो देंठ वरसो करून सकयलें पोंत दिव्याच्या उज्यार धरून मिरसांगेंतलें तेल तापयता. ह्या तापयल्ल्या तेलाचे थेंबे उपरांत घायांत सोडटा. तेल आनी मिरसांगेच्या वैजकी गुणांक, गरमसाण मेळिल्ल्यान ताचे वरवीं घाय पेखपाक मदत जाता. आदल्या काळांत वैजकी शस्त्रक्रिया केल्या उपरांत शस्त्रक्रिया केल्लें आंग हून तेलान तळसून घेताले तें गरम तेलाच्या अशा गुणांक लागून आसलें.

आधुनीक काळांत, नवीं आयतीं मलमां उपलब्ध जाल्ल्यान चुरको दिवप उणें जालां.

- सं.

**चूड** : उजवाड निर्माण करपाचें एक साधन. आधुनीक उजवाड निर्मणेचीं साधनां येवचे पयलीं चूड हें अशें मुखेल साधन आसलें.

माडाच्यो सुक्यो चुडट्यो माडाच्या चुडटाच्या वयल्या बारीक भागाक (पिराड्याक) आंवळून बांदतात. चुट्यांनीच चुट्ट्यांक वा सुंबान चुट्ट्यांक बांदून सान्नीच्या आकाराची चूड करता. चुट्ट्यो एकठांय बांदिल्ल्यान तांचो भोरो कसो जाता जाल्ल्यान त्यो पेटयल्यो म्हणटकीर व्हड उजो पेटून, चोंयवश्यां उजवाड फांकरता. अशी पेटिल्ली चूड, मदीं मदीं फाफडून तिच्या उज्याक हवेचो दाब दिलो म्हणटकीर उजो बरो भगभगता आनी चूड पालवना.

आदल्या काळांत रातच्या प्रवासाक, वाटे वयलें



उजवाडाचें साधन म्हणून चुडिचो वापर जातालो. आज गांवगिऱ्या वाठारांत कांय कडेन चुडिचो वापर जाल्ल दिसता. न्हंयतलें नुस्तें धरपाचे दिपकावणी हे पद्दतींत चु वापरता. हे चुडिच्या उजवाडांत उदकांतले नुस्तें दिपकाव जाल्ल्यान तें एका जाग्यार थीर रावता. मागीर दिपकावण करतलो त्या नुस्त्याक कोंबलें घालून वा सुरी तोंप अचळय धरता.

चुडीक धार्मीक संदर्भय आसा. कोंकणांत गांव राख देवचार ह्या देवदुता कडेन पेट्टी चूड आसता आनी रातच्या वेळार वाट शेणिल्ल्या वाटसरूंक वाट दाखय असो समज आसा. कांय जाणांक पेट्टी चूड धारण केल्ल देवचार दिसता अशीय स्रद्धा आसा. दिवच तालुक्यांतल्या साळ गांवांत गडे पडपाचो उत्सव जात ह्या गड्यांक थंयचो देवचार दोंगरार लिपयता- दाखय अशें मानतात. हें लिपय - दाखय करतांना तो चूड घेव भोंवता अशें भावीक लोक मानतात. चूड दिसता थंय ग आसतले असो संकेत आसा. हें चूड दिसप कांय वेळा ए सुवाती वयल्यान दुसरे पयसिल्ले सुवातेर, थोड्या खिण भितर जाता.

अश्वीन वद्य चतुर्दसेक आनी उमासे सांजच्या वेळ

ादल्यांनी हातांत कोलती वा चूड घेवन आपल्या पितरांक ाखोवंची अशें धर्मशास्त्र सांगता. तशें केल्ल्यान ह्या ातरांक तांची वाट दिसपाक मदत जातली अशें सांगलां. ाशा वेळार मंत्र म्हणचो आसता तो असो :

**ाग्न दग्धाश्चं ये जीवा येप्यदग्धाः कुलेमम।**
**ज्वल ज्योतिषा दग्धाः तेयान्तु परमां गतिम।**
**म लोकं परित्यज्य आगता ये महालये।**
**ज्वल ज्योतिषा वर्त्म प्रपश्यन्तु व्रजन्तुते॥**

**अर्थ :** उजो लागून जळिल्ले वा जळूंक नाशिल्ले तसेच ल्कापातान जळिल्ले म्हजे कुळांतले सगळे लोक उत्तम ातीन वचूं. शिवाय यम लोक सोडून म्हाळांत (हांगा) जे ायल्यात ते आमी दाखयल्ल्या ह्या प्रकाशमान चुडीन ापलो मार्ग पळोवं दी आनी वचूं दी.

**कोंकणी म्हण : "चूड दाखोवन म्हारू घरांत ाडप".**

कोणय जेन्रा मुद्दाम करून संकश्ट ओडून हाडटा तेन्रा ही ाहण वापरता. म्हारू ही अमानवी शक्त, जेन्रा तिडकेता, ान्रा ती संकश्ट हाडून, लुकसाण करता असो समज ासा. चूड ही म्हारवाक आपोवपाची कुरू अशें समजता.

- सं.

- डॉ. अनंतराम भट

**चूल :** घरांत वा घरा भायर जेवणखाण वा हेर अन्न उज्याच्या आदारान शिजोवजा खातीर ाल्ले रचणुकेक 'चूल' अशें म्हणटात. शब्दकल्पद्रुमांत ाुलिची व्याख्या आसा ती अशी : 'चुल्यते प्रज्वाल्यते अग्निस्त्र' अर्थ : जातूंत उजो पेटयता ती सुवात.

घरांत चुलीची जागा रांदनी कडेन आसता. घरांत ाुलीर अन्न शिजयता म्हण चुलीक दैवत्व प्राप्त जालां. ाका लागनू चुलीक पाय लायनात आनी अशुची अवस्थेंत आसतना तिका हात लायनात. बायलां सदांच ाूल सारोवन तिचेर रांगोळी घालतात. खूबशा वेळार



मातये चूल

वैश्वदेव लेगीत चुलीतूंच करतात. ताका लागून चुलीक अग्नी कुंडाचें स्वरूप प्राप्त जालां. घरांत खंयचेंच देवकार्य जातकच घरच्या देवांक नैवेद्याच्यो वाडयो दाखयतात. एक वाडी अन्नदेते चुलीकय दाखयतात.

आदल्या काळातं लोकआपले अन्न उज्यांत भाजून खाताले. ताका लागून तांका पेटिल्लो उजो पुरो जातालो. आयदनाचो सोद लागलो तेन्रा मनशाक अन्न शिजोवन खावपाची बुद्द मेळ्ळी. तीन फातर तीन कोनांत लावन तांणी चूल घडयली.

ताका लागून चूल ही मनशाच्या सांस्कृतीक विकासाचो एक म्हत्वाची पांवडो दाखयता.

तीन कोनांत लायिल्ल्या तीन फातरांची प्राथमीक अवस्थेंतले चुलिचो फुडें विकास जायत गेलो. गरजेप्रमाण मेकळ्यां फातरांचे सुवातेर मातयेचें बांदकाम करून तयार केल्ली चूल आयली. हातूंतय एके चुलिचे सुवातेर दोन वा तीन चुली एकत्रीतपणान बांदप जालें. अशा चुलिंच्या बांदकामांत वयले वटेन ल्हानशें आयदन दवरपा इतको बुराक दवरप जालो. हे वेवस्थेक वायल म्हणटात. हाची मांडावळ अशी करतात की ताचे खातीर वेगळ्या जळवाची गरज लागना. एक वा दोन चुलींतलो उजो आनी धग भितरल्यान दवरिल्ल्या बिळां सारक्या



गॅस चूल

वेवस्थे वरवीं वायला कडेन पावता आनी त्या उज्या धगावरवीं वायला वयल्या आयदनांतलें अन्न वा उदक गरम अवस्थेंत उरपाक मदत जाता.

चूल ही रांदचे कुडींतली मांडावळ आसली तरी केन्ना केन्ना घरा भायर वा एके सुवाते वयल्यान दुसरे सुवातेर चूल व्हरची पडटा. दर्यांत येरादारी करतल्या तारवट्यांक दर्या वयल्या होड्यां-तारवांनी रांदपा खातीर चूल लागता. अशे तरेची गरज भागोवपाक फिरत्यो चुली अस्तीत्वांत आयल्यो. हांकां फुगांव अशें म्हणटात. घरांतले चुलीवरीच फुगांवाची मातयेच्या बांदकामाची जाडी मांडावळ आसता. ही मांडावळ चवकोनी लांकडी खोक्यांत बसयल्ली आसता. हाडपा व्हरपाची सोय म्हणून ह्या लांकडी खोक्याक धरपाक मुठी वा खांची दवरतात. अशा चड जड फुगांवांचें हाड-व्हर चार लोकांच्या खांद्या वयल्यान करप जाता. फुगावांचे चुलिची बसका सर्वसादारण चुलिचे बसके परस जाडी आशिल्ल्यान चुलींतलो उजो लांकडी खोक्याक बाधीकार जायना. दगडी कोळशांच्या इंधनार चलपी ल्हान आकाराच्या धातू चुलींक शेगडी म्हणटात. ह्योय चुली हाडपा-व्हरपाक मेळटात. चूल जळवाच्या म्हणचे सुक्या लांकडांच्या इंधनाचेर चलता जाल्ल्यान शारांत रावपी लोकांक हें इंधन उपलब्ध जायना. ते भायर लांकडांचो धुंवोर रांदची कूड काळी-बुरशी करता. हाचेर उपाय म्हणनू स्टोव्ह हें रांदपा साधन आयलें. पयलीं वातिं स्टोव्ह आनी उपरांत कॅरोसिन बर्नर स्टोव्ह आयलो. हे स्टोव्ह त गैरसोयीचे जाल्यान सद्याक चडा चड वापरांत आसा तो गॅसस्टोव आयलो. आतां शारांनी सर्रासपणा आनी बऱ्याचप्रमाणांत गांवांनी लोक गॅस स्टोव्हाचेर रांदप पसं करतात. कारण हो स्टोव्ह हे अस्तित्वांत आशिल्ल्या खंयच्याय साधनापरस च सोयिचो जाता. आतां गॅस-स्टोव्हाचे जोडयेक वीज स्टोव्ह आयल्यात. तरी वीज-स्टोव्हाचे तुळेन गॅस स्टोव्ह सरस आसात. चड उश्णता जाय आशिल्लें रांद वीज-स्टोव्हा परस गॅस-स्टोव्हाचेर बरें जाता.

गॅस आनी वीज स्टोव्ह आयिल्ल्यान मातयेच्यो चुल उण्यो जाल्या आसल्यो तरी लग्न कार्या सारक्या व्ह घरगुती सुवाळ्याचें आनी गांव-जेवणा सारक्य सार्वजनीक जेवणावळीचें रांदप करपा खातीर व्ह आकाराच्यो चुलीच लागतात. अशा व्हड चुलींक रश म्हणटात. हांचेर व्हडलीं आयदनां दवरून मोट्य प्रमाणांतलें अन्न शिजोवंक मेळटा. तशें शिजोवप हे साधनां वरवीं शक्य नासता.

आदल्या काळांत चुलीक एक सामाजीक संद आसलो. एका घरांत एकच चूल आसची अस सामाजीक -नैतीक संकेत आसलो. घराचे संपत्तीचे घरच्यांमदीं वांटे जाले तरी चुलीचे वांटे करिनासले. घरचे सगळे लोक एकेच चुलीर रांदिल्ले जेवण जेवताले. घरचे लोक ते खातीर जेवणाचो रासवळ खर्च करताले. एक चूल घरच्या कुटुंबाचो एकवट सादता अशें समजून घरचे लोक एके चुलिचो वेव्हार सांबाळटाले.

आदल्या काळांत गांवां खातीर काडटाली ती वर्गण घरातल्या जोडकार मनशाप्रमाण न्हय तर चुलीप्रमाण

पडटाले. तशेंच गांवां कडल्यान घराक येणी येणावळ दर माशाप्रमाण न्हय तर चुली प्रमाण येताली.

**कोंकणी म्हण : घरोघरीं मातयेच्योच चुली.** वाळ्यां घरांनी लार्गी लार्गी घर-परिस्थिती आनी घर-ल्हार सारकोच आसता. तेन्ना कोणे एका घरांतल्यान न्या घरांतल्यांक नांव (दोश) दवरूंक फावना असो हे पारीचो अर्थ आसा.

**- सं.**

**चॅरमेल :** तोंडांतल्यान वाजोवपाचें एक वाद्य. हें वाद्य मुळांत विलायती आसलें तरी आदल्या काळांत तें कोंकण धरून आख्ख्या भारतांत लोकप्रिय आसलें. लांबट-पातळ अशा आकाराच्या वाद्याची लांबाय सुमार पांच ते स इंच, रूंदाय सुमार देड ते न इंच आनी जाडी सुमार एक ते देड इंच आसता. एकोडी (सिंगल) दोट्टी (डबल) वा तिट्टी (ट्रिपल) रावट आशिल्लें हें वाद्य वाजयतल्यान आपल्या फुंकिच्या तालार वाजोवन ते प्रमाण तातूंतल्यान सूर काडचे पटडाले. ते खातीर चॅरमेल एका तोंका सावन दुसऱ्या तोंका मेरेन ओठांतल्या ओठांत घोळोवचें लागता. सगळी कळाशी वाजयतल्याच्या तोंडांतल्यान भायर-भितर सरपी हवेच्या चड-उण्या दाबाचेर आशिल्ल्यान हे हवेची कलात्मक नदरेन केल्ली हालचाल (भायर-भितर ओडपाची कला) चॅरमेलाच्या संगिताचो थोथारायता. ह्या वाद्याचे खाशेलेंपण म्हणचे हेर वाद्यांप्रमाण वाद्यांत फूक घालतकच तातूंतल्यान सूर येताच, तेभायर चॅरमेल्यांतल्यान हवा तोंडांत भितर ओडटकच तातूंतल्यान वेगळ्या नादाचे सूर येतात. अशे सूर हेर फुंकिच्या वाद्यांतल्यान येनात. हेर वाद्यांचीं साथ घेवन वा घेनासतना एकोडे पद्दतीन रागदारी वा पदाची धून वाजोवपा खातीर आदल्या काळांत चॅरमेलाचो सर्रास वापर जातालो. संगीत ऑर्केस्टांतले साथीचें वाद्य म्हणून ताचो खूबूच उणो वापर जाला. आदल्या काळांत जात्रा-फेस्तांच्या फेरयांनी खेळण्यांचे मांड पडटाले. त्या मांडांनी चॅरमेला मेळटालीं आनी तेन्नाच्या भुरग्यांचें तें एक आकर्शण आसतालें. संगीत-अविश्काराची ल्हान मर्यादा आनी वाजोवपाची कठीणताय हांका लागून हें वाद्य आतां फाटीं पडलां. पयलीं सारकें सहजतायेन तें आतां उपलब्ध जायना.



**- सं.**

**चोरूसां :** किरिस्तांव समाजांतलो एक मांसाहारी खाण-प्रकार. धुकराचें बीन हाडाचें मांस, मसालो घलून, तें गोरवांचे झोळयेंत (intestine) भरतात आनी बरे तरेन सुकोवन दवरतात. जेन्ना गरज पडटा तेन्ना झोळयेची माळ कापून जाय तितकें काडून घेतात.

धुकराच्या मांसाक (sausages) जाय तितकें मीठ घालून तें कलशिता. उपरांत ताची रास कपड्याच्या कुडक्यांत पोटली कशी बांदता. ती पोटली मांसांतलो उदका सारखो पातळ पदार्थ निस्तावपाक (गळपाक) खंय तरी उंचायेर बांदता. मासांतलें उदक निस्तालें म्हणटकीर तातूंत जायतसो मसालो घालता. मांस-मसाल्याचें मिश्रण उपरांत, गोरवांच्या झोळ्यांनी भरतात. हें भरप मांसाचे गुळे करून भरतात. मासांचे गुळे भरिल्ली झोळी वयणेर हुमकाळावन सांवळेक सुकयता. तिका धुंगरी दिल्यार ती बरे तरेन सुकता.

अशे तरेन तयार केल्ली चोरूसांचे माळेचे, जाय तितक्यां गुळ्यां प्रमाण, कुडके करून ही चोरूसां पावा

वांगडा सुकीं (पाव-चोरूसां) खातात, वा आपणाक जाय तसल्यो भाजयो आनी चोरूसां हांचें मिश्रण करून, एक नवो पदार्थ (भाजयो-चोरूसां) करून खाता. तयार केल्ल्यां आयत्यां चोरूसांच्यो माळो बाजारांत विकरे खातीर दवरतात.

- सं.

**चौगुले विश्वासराव :** (जल्म : 24 ऑगस्ट 1915, हळदी कोल्हापूर).

एक नामनेचो उद्येगपती आनी गोंयचो एक येसस्वी खणमालक. ताचो जल्म एका मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. ताचें मुळावें शिक्षण मिशन हायस्कुलांत जालें. बेळगांवच्या बेनन स्मिथ हायस्कुलांतल्यान तो मॅट्रिकची परीक्षा पास जालो. उपरांत धारवाडच्या कर्नाटक कॉलेजांत ताणें प्रवेश घेतलो. घरच्या अर्थीक अडचणीं खातीर ताका महाविद्यालयीन शिक्षण अर्ध्यार सोडचें पडलें.

फुडें मुरगांवची 'लायोनेल एडवर्डस अँड कंपनी' हातूंत ताणें कारकून म्हूण नोकरी धरली. हे कंपनीत ताणें 6 म्हयने काम केलें आनी 'क्लिअरिंग आनी फॉवर्डींग' वेव्हारांत प्रवेश करपाचो निर्णय घेतलो आनी तो मुरगांव एजंटसच्या फर्मांत गेलो. ह्या वेवसायांत ताणें बरेच कश्ट घेतले. 'चौगुले ब्रदर्स' ह्या नांवान सुरू जाल्ल्या ताच्या कुटुंबाच्या उद्येगांत तो सामील जालो. ह्या उद्देगांत मालाची चड-उतार करप, जहाज उद्येगाची एजन्सी, पी. अँड आय क्लब, आयात-निर्यात हांचो आस्पाव आशिल्लो. 1939 त, दुसरे संवसारीक म्हाझूज सुरू जालें तेन्ना मुरगांव बंदर हे झुजकाळांतले सामुग्रीची निर्यात करपी एक म्हत्वाचें ठिकाण जालें. साग, कोंडे, खोबरेल आनी हेर जिनसांच्या निर्यातीचेर विश्वासरावान बरोच फायदो केलो. लिश्बोअ सावन ताणें जायतो माल खरेदी करून वेगवेगळ्या देशांनी धाडलो.

15 ऑगस्ट 1947 दिसा भारताक स्वतंत्रताय



मेळ्ळी. 1947त चौगुले कंपनीन 1,500 टन लोखण खनीज चेकोस्लोव्हाकीयाक निर्यात केलें आनी 1950 त 9,000 टन लोखण खनीज जपानाक धाडलें. आपले हुशार बुद्धिमत्तेच्या बळार ताणें जपानी पोला कारखान्याकडे यशस्वी वाटाघाटी केल्यो. ताच्या रूपा गोंयांतल्या लोखणा खनिजाखातीर ताणें खरेदी दर मेळयल्यो. ताच्या ह्या यशाक लागून गोंयच्या खण उद्येगाक चालना मेळ्ळी. ह्याच काळांत विश्वासरावा जपानी तिख्या कारखान्याकडल्यान अर्थीक पालव घेव मुरगांव हांगा यंत्रीक खनिज हाताळणी प्लँट उबारपाचे मोलादीक वावर केलो. उदेंतेकडल्या जगांतलो हे पयलोच उपक्रम आशिल्लो. विश्वासरावाच्या ह्या अर्थशास्त्रीय अभ्यासांतल्यान, खणीवेल्यान लागसार न्हंयेमेरेन आनी थंयसावन फुडे यांत्रिकी बार्जींवर लोखण खनिजाची येरादारी करपाची कल्पना फुडे आयली. ताका लागून बार्ज उद्येगाच्या वेवसायाकू बरीच चालना मेळ्ळी.

1961 त गोंय मुक्ती उपरांत ताणें नवे उमेदीन विंगड विंगड उद्येगांत लक्ष घालें. चौगुले स्टीमशीप, मांडवी

नेट्स, कोंकण फिशरीज, कर्नाटक एक्स्प्लोझीवस, गर्लेम ब्रीवरीज, चौगुले शिपयार्ड, नर्मदा सिमेंट आदी यते विंगड विंगड प्रकल्प विश्वासरावान सुरू केले. गुले उद्येगसमूह आज गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक, जरात, तमिळनाडू, ओरिसा आदी राज्यांत पातळ्ळा.

लोखण धातुक उद्येग मळावेलो भारतांतलो पयलो ानी संवसारांतलो तिसरो, येदे व्हड तांकीचो लेटायझेशन प्लँट विश्वासरावान शिरोडा हांगा उबारलो. ण दुर्देवान 1970 च्या तेल उणावाचो ह्या उपक्रमाचे र्थीक वेवस्थेचेर परिणाम जालो आनी हो उपक्रम बंद ालो.

1976त, संपत्ती कराविशींच्या म्हायतीच्या आदारान रत सरकारान विश्वासरावाची भारतांतली सगळ्यांत रेस्त व्यक्ती म्हूण घोशणा केली.

'गोवा चेंबर ऑफ कॉमर्स आनी इंडस्ट्रीज' ह्या वेपारी ानी उद्येजकांच्या संघटनेचो विश्वासराव सेगीत 4 वर्सां ध्यक्ष आशिल्लो. आपले कारकिर्दीत ताणें चेंबरच्या ावराक नवी दिका दिली. 'ऑल इंडिया शिपिंग ौन्सिल' चो अध्यक्ष ह्या नात्यान ताणें म्हत्वाचो वावर ला.

ताणें स्थापन केल्ल्यो कांय समाज उपेगाच्यो संस्था श्यो : पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय-मडगांव, सेंट ोजेफस इन्स्टिट्यूट - वास्को, चौगुले हॉस्पीटल. 26 ानेवारी 1962 दिसा विश्वासरावान 'गोमन्तक' हें ोंयचे सगळ्यांत चड खपाचें मराठी दिसाळें सुरू केलें.

शिरगांव मीनाखणीचें यांत्रिकीकरण केल्ल्यान वेश्वासरावाक 1953 वर्सा पोर्तुगीज सरकारान रदारकेचें मानाचें पद भेटयलें. 1959त, ताच्या खण उद्योगांतल्या वावराक लागून पर्थून एकदां पोर्तुगाल रकारान ताका 'कमांडर' हो भोवमान भेटयलो. गोंय ुक्तीच्या रूप्या सुवाळ्यावेळार गोंय सरकारावरवीं माजी ाष्ट्रपती ग्यानी झैलसिंग हांचे हस्तुकी विश्वासरावाचो ोवमान केलो.

- सं. मं.

**छत्रोत्सव : पळयात → सत्र्योत्सव**

**छाप : पळयात → गार**

**जगम** : मराठी : जुगुरू, हिंदी : पनि - आम्ला, कन्नड : अब्लू, संस्कृत : तालिश, इंग्लीश : पुनिआला प्लम, लॅटीन :प्लॅकोर्टिया

एक फळ झाड. ल्हान पानझडी आनी मध्यम आकाराचो रूख. सुमार 10 मी. उंच आनी 1.8 मी. रूंद. ह्या रूखाच्या खोडाचेर व्हड संयुक्त कांटे आसतात. तांकां चाप्रां अशेंय म्हणटात. ल्हान पिरायेच्या झाडाक कांटे आसनात. ताची पानां सादीं, ल्हान तांतयां आकाराचीं, तोंकां कडेन अशीर आनी दोनूय वटेन चकचकीत आसतात. गिमाच्या तेंपार ताची पानां गळटात. जानेवारी-फेब्रुवारी ह्या म्हयन्यांत ल्हानल्हान ताळ्यांनी पांच ते धा एकलिंगी फुलां येतात. तांकां पाकळ्यो आसनात. ह्या झाडाक निळसर काळ्या रंगाचीं मोट्या बोराएदीं लांबोडीं - वाटकुळीं, आंबट - गोड फळां येतात. तातूंत धा ते चवदा चेपट्यो बियो आसतात. झाडपिकीं फळां रूचीक तोरट आसता. हीं फळां दोनय हातांच्या ताश्टांमदीं ल्हवपीक दामून फळांतलो गर मोव करता. हो मोव जाल्लो गर रूचीक गोड आसता. ताश्टांमदीं फळां दामतांना 'चानये चानये म्होव कर जगमा जगमा गोड कर' अशें म्हणपाचें लोकगीत आसा.

कोंकणांत आनी उत्तर भागांत ह्या रूखाची लागवड करतात.

ह्या झाडाच्या लांकडा पसून उपेगी अशें मदेर तशेंच चड करून शेतकामाक उपेगी अशीं आयुदां करतात. पित्त वाडल्यार आनी फिग्दाच्या (यकृताच्या) दुखीचेर हीं फळां उपेगी पडटात. तांची पानां पातळ परसा कडल्या दुयेंसांचेर उपेगी आसता. जगमांचो घोस चवथीक माटोळेक बांदतात. वैजकी उपचार करचे पयलीं जाणकाराचो सल्लो घेवचो.

- सं. मं.

**जंगल (उदका येरादारी) :** न्हंय येरादारिचें एक साधन. हें अशे तरेचें साधन, आदल्या काळांत कोंकण धरून, जायत्यां न्हंयांचेर आसतालें.

व्हड आनी लांब सुकीं लाकडां, दोरयांनी एकठांय बांदून, न्हंयच्या उदकार हुबती (तरंगती) माची कशी सुवात म्हणजे जंगल. न्हंयचे एके तडीक सांवन दुसरे तडीक व्हरपा खातीर लोक आपलीं जनावरां आनी हेर सामान घेवंन हे तरंगते माचयेर उबे रावताले. जंगल चलोवपी आलतड-पलतड अशी दोरी देगेच्या झाडांक बांदून, ते दोरयेक धरून, जंगल आलतडी-पलतडीं हाड व्हर करतालो. जंय न्हंयचें पात्र रूंद आसतालें, थंय हें जंगल, तावजांचो (कोंड्या-बडयांचो) वापर करून, तांडून व्हरताले.

आदल्या काळांत, जंगल कापून, झाडांचे ओंडके जंगलासावन गावांत व्हरपा खातीर रस्त्या वयली फावशी येरादारी नासली. तेन्ना कापिल्ल्या झाडांची येरादारी, लाकडां न्हंयच्या उदकार उफेवन करताले. उदका वांगडा लांकडां आपशींच एके सुवाते वयल्यान दुसरे सुवातेर पावतालीं. आदीं जंगली झाडां उदकांतल्यान व्हरताले. ताचे वयल्यान कल्पना घेवन लोकांक हाड व्हरपाची ही जंगल येरादारी वापरांत आयली आसूं येता.

हे येरादारिची सुदारीत अवस्था म्हणजे सदाशीव-कारवार हांचे मदीं आशिल्ले काळी न्हंयेचेर चलताली ती जंगल-येरादारी. हे अवस्थेंतलें जंगल म्हणजे न्हंयेचेर तरंगपी लांकडांचे सुवातेर, हांगा दोन व्हडीं एकठांय बांदून केल्लो सांगोड आसतालो. ह्या सांगोडाचेर लांकडी फळयो बांदून एक गड गंज माची तयार करताले. दोन चार चाकी वाहनां दवरपा इतकी ताची लांबाय, रूंदाय तशी दाटाय आसताली. ह्या जंगलाचेर मनशां, सामाना वांगडा दुचाकी-चार चाकी वाहनांचें आलतडच्यान पलतडीं हाड - व्हरप जातालें. हें जंगल एके तडीक सावन दुसरे तडीक हाड व्हरपाचें काम यांत्रीक ल्हान बोटी कडसून (लाँच) जातालें. काळी न्हंयचेर पूल बांदचे पयलीं, काळी न्हंय हुपपाचें हें असलें एकमेव येरादारी साधन आसलें.

पुर्तुगीज भाशेंत उदकार उफेवपी लांकडांचे माचयेक (Jangad) जांगाद म्हणटात. ह्या पुर्तुगीज उतरा वयल्यान जंगल हें नांव हे येरादारीक पडलां अशें एक मत आसा. दुसऱ्या मताप्रमाण, आदल्या काळांत जंगलांतली म्हणजे जंगलांतल्या लांकडांची हाड-व्हर उदकांतल्यान जाताली, ताचे वयल्यान हे येरादारीक जंगल हें नांव पडलां अशें म्हणटात.

- सं.

**जघांट :** एक घन वाद्य. तांबें, काशें, पितूळ अश्यां मिस्तूर धातू पासून तयार केल्लें सुमार देड सें.मी. दाटायेचें आनी सुमार 30 सें.मी. रूंदायेचें वाटकुळें सपाट वाद्य. ह्या वाद्याचो मदलो भाग कडेच्या भागापरस सुमार 3 सें. मी. दाट आसता. ह्या वाद्याच्या एके कडेन दोन बुराक काडून तातूंत दोरी घालून ती एका हातांत धरतात आनी दुसऱ्या हातांत सुमार 20 सें.मी. लांबायेची आनी 4 सें.मी. जाडयेची लांकडी वाटकुळी तोणी घेवन जघांट वाजयता. मिश्र धातुचो गूण, जघांटाची दाटी आनी लांकडी तोणयेचो आघात हातूंतल्यान दिर्घकाळी सुरेल असो गंभीर नाद निर्माण जाता. वाजोवपी तालबद्द रितीन ताचो वापर करता आशिल्ल्यान तातूंतल्यान संगीतमय अशे सूर काडप शक्य जाता. हें वाद्य हेर वाद्यांच्या सांगातान धार्मीक कार्यावळींनी वाजयतात.

- सं. मं.

**जंजिरा संस्थान :** कोंकणांतलें एक आदलें संस्थान. जंजिरा (जुंवो) ह्या अरबी शब्दा वयल्यान ह्या थळाक जंजिरा हें नांव पडलां. आदल्या काळार कुलाबा जिल्ल्यांतले रोहा-माणगांव तालुके, दक्षिणेंतली बाणकोटची खाडी, पश्चिमेंतलो अरबी समुद्र, उत्तरेकडल्या कुलाबा जिल्ल्यांतल्या रोहाची खाडी ह्यो संस्थेच्यो शिमो आसल्यो. राजापुरच्या

ीन संस्थानचे दोन सभावीक भाग केल्ले. आदल्या ळार हांगा कोळ्यांचे राज्य चलतालें. 15व्या ऽड्याच्या सोपत्यार अहमदनगरच्या निजामशाहींत ांनी (सिद्यांनी) कपटान जुंव्यार कब्जो केल्लो. हो ल्लो मेळोवपा खातीर शिवाजी महाराजाचे प्रयत्न बरेच ाले. पूण ते प्रयत्न सफळ जाले ना. आदिलशाही ल्यान शिवाजी महाराजा आड संरक्षण मेळनासलें. हे वन हबशांनी 1670 त मोगलांची मांडलिकी घेतली ो उपरांत तांकां मोगल नौदलाचे मुखेली म्हूण मानूंक ले. ताणी हाजयात्रा करप्यांक मेकळीक दिवंची ो ताच्या बदलाक तांकां सुरतच्या महसुलांतलो कांय मोगलांनी दिवंचो अशें थारिल्लें. 1682 त संभाजी ी 1733 त आंग्रे, पेशवे हांचे हल्ले जंजिऱ्याच्या ीन परतिले. पूण फुडें तांकां रायगड मेरेनचो आनी ळातलो सगळो प्रदेश सोडचो पडलो. 1736 त ाजी आप्पा हाणें सिद्दीसात ह्या हबशी मुखेलीक यंत मारल्या उपरांत ते मराठ्यां कडेन तिरस्कारान क लागले. मोगल सुरतचो सिपी हिलाल हाणें 1731 ांचे जहाज ताब्यांत घेवन दंड फारीक करपाक लो, पूण तो दंड ताचे कडल्यान फारीक करपाक ना म्हूण ठाणेदार हाणें 104 चौ. कि.मी. चो हो प्रदेश ी हिलाल हाकाच विकलो. तेन्ना सिद्दी हिलाल ऱ्याचो कारभार पळोवंक लागलो.

1834 त संस्थान ब्रिटिशांचे मांडलीक म्हूण वावुरलें. यांनी कारभारांतल्या बेगमशाहीक लागून 1869 त त पोलिटिकल एजंट नेमप जालें आनी पुलीस आनी स हीं दोनूय खातीं तांचे सुवादीन केलीं. श्रीवर्धन, ड आनी म्हसाळे हे तीन म्हाल संस्थानांत आशिल्ले. आफ्रिकेतल्यान हांगा आयिल्लें नवाब मुस्लिम ो. आदल्या काळार राजपुरीच्या खाडींत मोतयां टाल्लीं. ह्या संस्थानांत बेनेइस्त्राएल जमातीचे मराठी ीक आसप हें संस्थानचे आनीक एक खाशेलेंपण शिल्लें. 1874 पसून मुंबय दासगांव बोटी जंजिरा र्धन हांगा थांबपाक लागल्यो. जाफराबाद हेंय एक बंदर आशिल्लें. उपरांत 1880 वर्सा डाकघर जालें. 19व्या शेंकड्यांत उत्तरार्धात आनी 20 व्या शेंकड्यांत शिक्षण, नगरपालिका, आरोग्य, वनसंरक्षण हातूंत बऱ्योच मुदारणा जाल्यो. उपरांत संस्थान मुंबय प्रांताच्या कुलाबा जिल्ल्यांत समाविश्ट जालें.

- **सं. मं.**

**जरलो : पळयात → जल्लो**

**जरीआई - मरीआई :** एक उग्र आनी तापट सभावाची देवता. जरी म्हळ्यार जोर वा पिडेची धाम आनी मरी म्हळ्यार देवी, पटकी सारकिल्ल्या रोगाची धाम. रोग, पिडा हांची देवता म्हण जरीआई- मरीआईक वळखतात.

अस्तंत महाराष्ट्रांत मरीआई, विदर्भांत मरीमाय, उत्तर प्रदेशांत मरीमाई, मारी वा मरीभवानी अशा वेगवेगळ्या नांवांनी जरीआई-मरीआईक वळखतात. दक्षिण भारतांतले पोलेरम्मा ग्रामदेवताक मरीआईचेंच रूप मानलां.

जरी-मरीचें स्थान गांवांत एका कोनशाक वा गांवांभायर एकाद्या झाडा-पोंदा आसता. हे देवतेची देवळांतूच प्रतिश्ठापना करपाक जाय असो नेम ना. कांय कडेन सैमीक अवस्थेंत आशिल्ली तर कांय कडेन वस्त्रां न्हेसयल्ली जरी-मरीची मूर्त भारतांत दिश्टी पडटा.

महाराष्ट्र तशेंच दक्षिण भारतांत मरीआईचे पुजे विधींत कोडूलिंबाच्या पाल्याक खास म्हत्व आसा. पोतराज हो मरीआईचो उपासक वा भगत आसून ताचे वतीन मरीआईक प्रसन्न करची असो समज आसा. कांय कडेन पोतराजाक 'जरीमरी' वा 'कडक लक्ष्मी' म्हणटात. गांवांत आयिल्ल्या रोगाचे साथीचो नाश करपाक मरीआईचो गाडो गांवचे शिमे मेरेन पोतराज व्हरतात. मंगळारा वा शुक्रारा हो गाडो गांवचो शिमे मेरेन व्हरपाचो विधी जाता. ताका लागून वायट पिडा, रोग गांवचे शिमे भायर वतात, असो लोकांचो भावार्थ आसा. हो गाडो

गांवचे शिमे भायर व्हरपाचे विधीक 'जरी-मरीची जात्रा' म्हणटात.

भावीक लोक तिका जायत्यो आंगवणी करतात. उज्या वयल्यान चलप, स्वताच्या शरीराक दाभण वा सुयो तोपप, फाटीक हूक तोपप, असल्या खर आंगवणिंचो तातूंत आसपाव जाता.

जरी-आई - मरीआईचे उत्पत्ती विशीं जायत्यो काणयो सांगतात. तातूंतली एक अशी :

एका चांडाळान आपूण ब्राह्मण म्हूण सांगून एके ब्राह्मण चलये कडेन लग्न केलें. कांय काळा उपरांत ते चलयेक चांडाळाचे कपट समजलें. तिणें ही घडणूक आवय-बापायक सांगली आनी तिडकीसरशीं घोवाक आनी स्वताक स्राप दिलो. त्या स्रापान ती 'मरी' जाली. घोव स्रापाक लागून 'रेडो' जालो. तिचीं भुरगीं 'कोंबडी' आनी 'बोकडी' जालीं. मरीआई ही मूळ आंध्र प्रदेशांतली आसूंये, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा.

**- सं. मं.**

**जल्म कुंडली : पळयात → कुंडली**

**जलमी : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**जल्लो :** एक घरगुती किटक. जल्ल्याची उत्पत्ती खूप वर्सां आदीं जाली. किटकांच्या पुर्विल्ल्या जिवाश्मांनी जल्ल्याचेय जीवाश्म मेळटात.

जल्ल्याच्या कुडिचे अवयव हेर किटकांवरीच आसतात. ताची कूड थपकटी, लांब दोरये सारक्यो मिश्यो आनी तिकतिकीत पाखां आसतात. ताचें आंग चेपटें आशिल्ल्या कारणान तो ल्हान खाचींत सहज रावता. सुमार अर्द्या जातींतल्या जल्ल्यांक पाखां आसतात. पूण ते पाखांचो उपेग उडपा खातीर चडसो करिनात.

जल्ल्याच्यो सुमार 1,600 जाती आसात. तातूंतल्यो थोड्योच जाती मनशाच्या वसतीस्थानांत रावतात. तातूंतल्यो चार जाती अशो आसात.

1) उदेंती (ब्लेटा ऑरिएंटॅलीस), 2) अमेरिकन (पॅरिप्लॅनेटा अमेरिकान),3) जर्मन (ब्लॅटेला जर्मनिका) आनी 4) आस्टेलियन (पॅरिप्लॅनेटा ऑस्ट्रेलॅसिई)

मादी आपले पूर्णावस्थेंतल्या 5 म्हयन्यांच्या जिवित काळांत 5-8 अंडप्रावर (ootheca) घालता. हवेच्या तापमाना वरवी सुमार 40 दिसां भितर फुटून तातूंतल्यान बारीक आकाराचीं पिलां भायर सरतात. तांची एक पिळगी 9-30 म्हयन्यांची आसता.



अमेरिकन जल्लो हो सगळे कडेन दिसपी जल्ल्यांची मुखेल जात. हो जल्लो आकारान व्हड (सुमार 30-50 मि.मी. लांब) तांबसार तपकिरी रंगाचो आसून नर आनी मादी ह्या दोगांकूय पाखां आसतात. प्रसंगाप्रमाण उडपा खातीर तो आपल्या पाखांचो उपेग करता. जल्ल्याचो जीवनक्रम तातीं, अर्भक, पील, पुराय वाड जाल्लो जल्लो असो आसा. निरोचीत मादी खांचिनी चवळेच्या आकाराचीं, चॉकलेटी, रंगाच्या आवेश्टनांत चडांत चड 16 ततयां घालता.

जल्ल्याचें मूळ स्थान, उश्ण कटिबंधीय आफ्रिका आसा. जल्लो मनशांच्या घरांत रांदचे कुडींत आनी

ती-फटींनी तशेंच पुस्तकानी रावता. काळखांत तो
ले अन्न सोदपाक भायर सरता. तो शिटूक
शेल्ल्यान मनशाची मात लेगीत सुलूस लागल्यार
टा. ताचे लिपपाचे सुवातेक, ताच्या शरिरांतल्या
तल्यान भायर येवपी तेलकट द्रवाक लागून आनी
ाक लागून घाण येता. तो आयदना वेल्यान भोविल्लो
सल्यार त्या आयदनांकूय घाण येता.

खावपाचे पदार्थ तो नश्ट करता. तशेंच कपडो खावन
ा बुराक घालता. आदल्या काळांत प्रयोगशाळेंत
ी संशोधन कार्यांत जल्ल्याचो जिवशास्त्राच्या
गांत उपेग करताले. अशा जिवांची हत्त्या टाळपा
तीर आतां प्रयोगशाळेंत जल्ल्यांचो वापर करिना. ते
तेर जल्ल्याचें चित्र वा शिल्प वापरतात.

जल्ल्याचो नाश करपा खातीर धान्याच्या पिठांत
णखार पूड भरसून राती कडेन जल्ले जंय जमतात थंय
तात. मॅलॅथिऑन, पायरेथ्रम पूड,गॅमॅक्झिन, डी. डी.
ह्या सारकीं किटकनाशकां तांच्या लिपून बसपाचे
तांनी दवरतात. किटक नाशकांचीं फवारो मारपाचीं
धुनीक उपकरणां आतां उपलब्ध आसात.

**- सं. मं.**

**जळू :** एक बीन हाडी प्राणी. ॲनेलिडा संघातल्या हिरूडिनिया वर्गांत सगळ्या
वांचो समावेश आसा. ह्या वर्गांत (हिरूडिनीया)
ॲथोब्डेलिडा (दृढकष्टकी जळूगण), हिन्काब्डेलिडा
ण्डी जळूगण), नॅथोब्डेलिडा (दंती जळू गण) आनी
ब्डेलिया (अदंती जळूगण) अशे चार गण आसात.

जळू चडशे गोड्या पाण्यात रावतात पूण थोडे
तिल्या नुस्त्यांच्या, कुर्मांच्या वा क्रस्टेशियन
वचधारी) प्राण्यांच्या शरीराचेर परजीवी (दुसऱ्याच्या
राचेर जगपी) आसतात. आनी कांय जळू दमट
नीर वा दलदलीच्या जाग्यार रावतात. शरीराच्या
य तोकांन एकेक चूषक (द्रव पदार्थ ओडून घेवपी
यव) आसून ताचो उपेग खंयच्याय वस्तूक चिकटपा
खातीर आनी संचलना खातीर जाता.

सर्वसाधारणपणान जळुचो रंग करडो तपकिरी वा तपकिरी पाचवो आसता. कांय जणांचे रंग तकतकीत आसतात. जळूचें शरीर लांब आसून तांतयाच्या आकारा सारकें आशिल्ल्यान वयर चेपटे कशें आसता. तें सामकेंच लवचीक आशिल्ल्यान तें आखडूंक येता. ताणून लांब करूंक येता वा पसरपाक येता. ताका 24 खंड आसतात. दर एका खंडाच्या पृष्ठाचेर खोबणीची 1-5 वलयां आसतात. शरीराच्या फाटल्या तोंकाचेर आसपी मोटो आनी वाटकुळो चूशक आसून तो 7 खंडापसून तयार जाल्लो आसता. मुखावयल्या तोंकार तोंडाच्या 4 खंडापसून तयार जाल्लो ल्हान चूशक आसता. जळवाचे शरीर उपत्वचेन आच्छादिल्लें आसता. हाचे सकयल एका स्तराक बाह्य त्वचा आसता. हिच्या कोशिकांच्या (पेशी) भितरल्या तोंकाच्या मदल्यान जागो आसून तातूंत रूधिर केशिका (सूक्ष्म रक्तवाहिन्या) तंत्रिकान्त (मज्यांची तोकां), रंगकेशिका आनी चर्माचे तंतू शिरिल्लेआसतात. भायल्या आंगापसून तयार जाल्ले कितलेंशेंच श्लष्मग्रंथी (बुळबुळीत स्त्राव स्त्रवणकरपी ग्रंथी) बाह्य पृष्ठाचेर उगडटात. बाह्य आंगाचेर चर्म आशिल्ल्यान ते तंतुमय संयोजी उतकाचे (समान रचना आनी कार्य आसपी आनी जोड आसपी पेशी समुहाचे) तयार जाल्ले आसता आनी तातूंत रंगकेशिका आनी सधिर केशिका आसतात. चर्माच्या सकयल ताका लागिल्लो स्नायुतंतुचो गोलाकार थर आसता. हाचे सकयल तिरप्यो स्नायूचो एक थर आनी ताच्या सकयल अनुदैर्ध्य (उभ्यो) स्नायूचो एक जाड थर आसता.

हाचेशिवाय देहामित्तीपसून आंतर आंगान वचपी अरीय स्नायू आनी खंडशा मांडणी आशिल्ले उत्तराधर स्नायू आसतात. सगळे स्नायू चडशे बळकट आसतात. आहारनाल (अन्नमार्ग) आनी देहमित्तीचे स्नायू हांचे मदीं एक विशेश प्रकारचें उतक आसता. ताका गुच्छ - उतक म्हणटात. हातूंत देहगुहीय (शरीरातल्या रिकाम्या जाग्याचेर) रधिर कोटर तंत्राच्या सूक्ष्म प्रणालांचे

(मार्गाचे) जाळें आनी तपकिरी रंगद्रव्यान भरिल्ली ल्हानशी केशिका आसता. ह्या उतकाक लागून देहगुहेचो ऱ्हास जावन कांय कोटरांच्या स्वरूपांत ती शिल्लक रावता.

**उपेग :** तळ्यांत वा भायर भोंवपी गोगलगायो खूब आसल्यार तातूंत जळू सोडून त्यो कमी करूंक येता. नुस्तें गरोवपाकय जळुचो हांयस म्हणून उपेग करतात. भारतांत तशेंच जगांतल्या हेर देशांतय खूब पयलिंच्या काळासावन रोग्याच्या शरीरातलें दुशीत रगत काडून उडोवपा खातीर जळुचो उपेग करतात.

हिरूडो आनी हिरूडिनेरिया या वंशातली जळू मनशाच्या वा गोरवाच्या आंगाक चिकटली, तर ताचेपसून त्रास जाता. पूण कांय जळूंक लागून मरूंकय शकता.

मध्यपूर्वेतल्या देशांत मेळपी लिम्नॅटिस निलोटिका हे न्हंयो, झरे हातूंत रावपी जळू उदका बराबर तोंडात वा नाकापुडीत शिरल्यार रक्तस्त्राव, ओकाऱ्यो बी येतात तशेंच मरूंकय शकतात. द. अमेरिकेंत मेळपी हीमाडिप्सा चिलीॲनाय ह्या जळूक लागून गोरवां आनी घोडे मरतात.

जलौका म्हळ्यारच जळू हो वायट रगत पियेवन रोगी शरीर निर्दोश करून रोग नाश करपी उपेगी जीव आसा. थळाव्या रोगनाशाक लागून रक्तस्त्राव करपाक शिंग, जळू आनी दुदी (भोपळा) हाचो उपेग करतात. वात, पित्त आनी कफ हांणी दुशित केल्लें रगत काडपा खातीर हाचो क्रमान विशेश उपेग जाता. राजे, गिरेस्त, ल्हानाक, जाण्टयांक, भिवपी मनशांक, दुबळी बायल आनी कोमल अशा रोग्यांचे रगत काडपा खातीर हो अतिसुकुमार असो रगत सेचनाचो उपचार आसा.

**जळू लावप :** हो एक आदल्या काळांतलो घरगुती वैजकी उपचार. ह्या उपचारावरवी पिडेकाराच्या दुखऱ्या आंगाक जळू चाबयताले. हे जळू मागीर दुखऱ्या आंगांतलें दुशीत रगत पियेताल्यो आनी तें पियेवन जालें की तांकां आंगां वयल्यान निखळटाले. रगत पितकीर जळू फुगताले आनी तांच्या फुगपा वयल्या रगत काडपाचें प्रमाण थारतालें. कोणाचें कितलें रग काडचें तें जळवो लायतल्याच्या अदमासार थारतालें.

दुशीत रगता खेरीज रगता दाब वाडिल्ल्याचें बऱ्या रगताचें प्रमाण उणें करपाकय जळू लावप जातालें. रगता प्रमाण उणें जाले की रगताचो दाब उणो जावपाक मद जाताली. ते भायर फिग्द, प्लिव्ह बी सारकीं चलना त जळू लायताले. जळू लावप ही एक खाशेली कळा आसताली आनी ते लावपी तज्ञ लोक आसताले.

जळू लावप हें जितलें कटकटीचे आनी त्राम आसतालें तितलें तें घातमारेंय आसतालें. जळवा वरव कुडींतलें चड-उणें रगत काडून घेतल्यार तें भलायके बाधीकार थारतालें. आदल्या काळांत दुसरो कसलो ब उपाय उपलब्ध नाशिल्ल्यान जळू लावप जाताले आधुनीक काळांत ह्या उपाया खातीर सोपे तशे उण दुश्परिणामांचे आनी चड खात्रेचे उपाय आयल्यात.

- सं

**जागर :** गोंयचें एक लोकनाट्य. हें लोकनाट रातभर चलता आशिल्ल्यान वा ह लोकनाट्यावरवीं जाग्याच्या (गांवाच्या) देवाक, म्हण जागोरयाक गांवांचे रक्षण करूंक जागयता, (जाग करता) म्हणून ह्या नाट्याक जागर हें नांव पडलां अ समजता. देव सर्वज्ञ आसलो तरी देवा कडेन मागप सर्रासपणान, सगळे कडेन आनी सगळ्या धर्मांनी जात देवाची दया जावपाक देवा मुखार वचून, दया माग आसता हो भावार्थ देवाचे पुजे अर्चेफाटल्यान, तसो गजर गाराण्या फाटल्यान आसा. देवाक जागृत करपा भावनेंतल्यान जागरांत जो धार्मीक विधी जाता ती ह जागर लोकनाट्याची बसका आशिल्ल्यान देवा जागोवप हो जागरा फाटलो खरेलो अर्थ दिसता. जागर लोकनाट्य (करमणूक) आसलें तरी पयलीं तें ए विधिनाट्य (धार्मीक विधी) आसा. गांवच्या राखण देवाक जागृत करून ताचो आशिर्वाद मागपाच्या उद्देश



जागरांतलो एक प्रवेश

आशिल्ल्या साश्ट आनी मुरगांव म्हालांतल्या गांवांनी हो जागर करतात.

**हिंदु किरिस्तांव जागर :** हिंदु आनी किरिस्तांव एकठांय येवन करता असो एकच जागर शिवोली (बार्देस) गांवांत जाता.

ार्मीक विधी मनयता.

ांयांत वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी जागर जाता ल्लो तरी दर एका वाठाराची जागर करपाची पद्दत ्री आसता. सदळपणान 1) गावडो जागर, 2) पेरणी ाड्यां) जागर, 3) किरिस्तांव जागर आनी 4) हिंदू - स्तांव जागर अशे जागराचे चार प्रकार करूं येता.

**ावडो जागर :** हो जागर गावडे लोकवस्ती ागल्ल्या प्रियोळ, वेलिंग, करमळी, बांदोडे, मुर्डी, , कुंकळ्ये, पाळें, शिरदोन, चिंबल, ह्या गांवांनी ा.

**ारणी (रूपडी) जागर :** हो जागर पेरणी लोकवस्ती ागल्ल्या केर्पे, मळकर्णे, काणकोण, पैंगीण, लोलयें, ोडें अशा वाठारांनी जाता. ह्या जागरांत सवंगां ल्ल्या तोंडाक रूपडीं घालतात म्हणून ताका रूपडीं र अशेंय म्हणटात.

**केरिस्तांव जागर :** किरिस्तांव लोकांची वसती

**जागर कार्यावळ :** वाठाराप्रमाण आनी समाजाप्रमाण जागराचे प्रकार केले आसले, तरी ही धार्मीक कार्यावळींतल्यान केल्ली मनोरंजनाची कार्यावळ आशिल्ल्यान, हिचो पयलो नमनाचो भाग आनी निमणो दंडवताचो (माण दवरपाचो) भाग सगळे कडेन थोड्याशा फरकान, एक सारको आसता. मदल्या कथानकाच्या भागांत थोडो फरक आसता. जागराची सुरवात सांजच्या नमनान जाता. हें नमन घालपाचो मान, ज्या मांडार जागर जाता, त्या मांडाच्या मानकऱ्याक वता. ह्या वेळार गांवचे सगळे गांवकार मांडार बसतात. मांडार दिवली पेटयता. नमनांत, भूमीमंडळ, धरतरी माता, मांडागुरू, सांतेर, खुटीमाय, देंवचार, मूळपुरीस, कांय तांत्रीक दैवतां आनी जागर करपाक (पळोवपाक) आयिल्ल्या लोकसमुहाचो उल्लेख येता. नमनाक घुमटां, डोब, कामाळें, झांज ह्या लोक वाद्यांची माथ आसता.

नमनाची धार्मीक कार्यावळ जाली म्हणटकीर जागराच्या कथानकाच्या (नाट्याच्या) मुखेल अशा मदल्या भागाक सुरवात जाता. हें कथानक एक आसना. हातूंत जायतीं ल्हान ल्हान सुटीं कथानकां आसता. तांचो एकामेकां कडेन तसो सरळ संबंध आसना. कांय कथानकां म्हणजे ल्हान ल्हान प्रसंग वा घडणुको आसता.

जागरांत दैवी आनी मानवी अशीं दोन तरेचीं सवंगां

आसता. दैवी पात्रां मदीं लव, पातरंगी, धोने, पावणार, सईद, गणपती, सरस्वती, आदीमाया, जागरयो, मेरी मेरीचो कुंवर आसता. मानवी सवंगांनी माळी, कुंभार, वैज, गवळी,तेंडली, गाराशेर, पाखलो, खाप्री, रणरावत, म्हार-म्हारीण, फुलकार, फुलकात्र अशीं समाजाचें प्रतिनिधीत्व करपी आसता. दैवी सवंगा करपाचो मान, पारंपारीक हक्कान थारावीक कुटुंबाक आसता.

जागरांत संवाद आसले तरी ते लिखीत स्वरूपांत नासता. जागरांतलें लोकसंगीत हो जागराचो मुखेल घटक आसता. तातुंतलीं पदां आनी वाद्य ह्या दोन संगीत घटकांचेर जागरांतले गंभीर आनी विनोदी प्रसंग ओडलायणे जाता. घुमट, डोब, नगारो, कांसाळें आनी झांज ह्या लोकवाद्यांच्या सांगातान जागरांतली पारंपारीक कवनां हें जागराचें एक मनरिजवणेचें खाशेलें आंग आसता. ह्या संगिताचेर केल्लो पात्रांचो पारंपारीक नाचय मनभुलवणो जाता. कथानकांचे गरजेप्रमाण, पारंपारीक भेस घालून पात्रां येतात. पेरणी जागरांतले पात्रां तोंडाक लांकडी रूपडीं घालतात. तांचो भेस, तांची भास आनी तांचो अभिनय प्रसंगातल्या त्या त्या काळांतल्या समाजाचें चित्रण करता. हातुंतली कांय पात्रां (दांडलां, गाराशेर आदी) पायांक दांडे बांदून ह्या दांड्याचेर उबो रावून नाच करता. जागरांतल्या संवादांची भास कोंकणी -मराठी उतरांनी भरशिल्ली आसली तरी पात्रांचे भुमिकेप्रमाण हिंदी, मराठी, कोंकणी आनी पुर्तुगेज लेगीत आसता. कथानकां बोधपर आसता आनी तातूंत विडंबनात्मक विनोदाचो धागो गुथिल्लो आसता. दादल्यां-बायलांचीं सवंगां दादलेच करता. पेरणी जागरांत बायलेचें सवंग बायल करता.

आदले दिसा सांजचो सुरू जाल्लो जागर, दुसरे दिसा फातोडेर दंडवत हे देवाक केल्ल्या दंडवतान सोंपता. हाका मांड दवरप (सोंपप) म्हणटा. हांगा मांडकार सुरवेक नमनांत होरायल्ल्यां देवांक दंडवत घालता. सगळीं दैवतां मांडार आयल्यांत आनी आतां मांड दवरतांना तांकां गांवांचे रक्षण करपाची ह्या दंडवतान विनंती आसता.

जागराचो सगळे नदरेंतल्यान विचार केलो तर जाग आधुनीक नाटकाचें, तियात्राचें आद्य रूप आसा ह खात्री जाता.

गोंयांतल्या जागरा फाटलो देव-जागरणाचो उ दवरून जागरा सारकी कार्यावळ भारतांत हे कडल्या व प्रदेशांत केल्ली मेळटा. कुमाऊं प्रदेश, गढवाल प्र आनी आसामी प्रदेशांतय देव-दैवतांक जागोवप जागरणाच्यो कार्यावळी जाता.

कर्नाटकांत हरिजागर आनी पश्चिम जागर अ जागराच्यो कार्यावळी जाता. दसऱ्याचे दुसरे दिसा ये एकादशीक देव न्हिदता अशें समजता. म्हणून तिका श एकादशी म्हणटात. ह्या दिसा लोक देवाचें भजन करत न्हिदलेल्या देवांक जागृताय हाडपाची तातूंत वि आसा. हाका हरिजागरण म्हणटात. दक्षीण क जिल्ल्यांत पश्चिम जागर ही जागरणाची कार्यावळ ज सकाळीं भावीक लोक पश्चिमेक आशिल्ल्या दर्यांत न वा बायंत न्हावन येवन देवळांत भजन पूजन करून दे जागो करपाची सेवा करतात. देवाक जागो करप कार्यावळ कार्तीक शुद्ध द्वादशी मेरेन चलता. ह्या दि उत्थान द्वादशी म्हणटात. ह्या दिसा देव जागो जाता अ लोकांचो भावार्थ आसा.

**पुरक नोंद : चातुर्मास**

**- अरूण उभय**

**कोंकणी म्हण : कातली ना फोव. सुको जागर.**

जागर ही जरी मनोरंजनाची कार्यावळ आसली तरि एक धार्मीक विधी जाल्ल्यान थंय कार्यावळी वां निवेद्याच्या रूपांतलें कातली फोव सारकें खाण मेव जेन्ना कसल्याय कामाक लागून स्त्रम आनी वेळ दि ताचो कसलो मोबदलो मेळना. तेन्ना ही म्हण वाप हांगा कातली आनी फोव म्हणजे मोबदलो आनी

ागर म्हणजे फुकटचें काम अशा अर्थान घेतलां. येवणाळ
नशिल्लें फुकटचें काम अशा अर्थाची ही म्हण आसा.

- सं.

**जात्रा :** एक धर्मीक उत्सव. एकाद्रे देवतेच्या उत्सवा खातीर वा एकाद्रचा त्पुरूशाचे पुण्यतिथीच्या वा जयंतीच्या निमतान वा काद्र्या तीर्थक्षेत्रांत, वर्सांतल्यान एका थारावीक दिसा ाकांचो जो धर्मीक मेळावो जाता ताका जात्रा अशें णटात. इस्लाम धर्मांतल्या सत्पुरूशाचे पुण्यतिथी मतान जो उत्सव जाता ताका 'उरूस' अशें म्हणटात. ारिस्तांव धर्मीक मेळाव्याक फेस्त म्हणटात. देवतेविशीं न्यभाव वा सत्पुरूशा विशीं आपलो आदरभाव गटावपा खातीर भावीक लोक जात्रेक येतात. देवता वा त्पुरूश हांचे आराधने खातीर थंय न्हाण, दर्शन, पूजा, जन, खेळ, नाच, नाटक, मेळो, कालो, मिरवणूक, र्ती, जेवण हे कार्यक्रम जातात.

जात्रेच्या काळांत ते ते देवतेचे खाशेले पुजोपचार ातात. तातूंत देवतेची रथांत वा पालखेंत वा सांगोडांत सोवन मिरवणूक काडटात. प्रथा आसल्यार हे देवतेचो मनसुवाळो लेगीत जात्रेच्या दिसांनी सगळ्या भक्तांचे रस्थितींत मनयतात. जात्रा हो खास करून देव-देवतेचो ा सत्पुरूशाचो धर्मीक उत्सव आशिल्ल्यान तातूंत ाविकांचें देवाचें दर्शन घेवप, पूजा करप, आंगवण ावोवप, प्रसाद ग्रहण करप ह्या गजालींक खाशेलें म्हत्व ासता. कांय प्रदेशांनी जात्रेच्या दिसांनी पशुबळी ावपाची चाल आसा. पंढरपूरच्या विठोबाजी जात्रा ाषाढी आनी कार्तिकी एकादशीक मोट्या प्रमाणाचेर रता. संबंद महाराष्ट्रांतल्या वारकरी आनी भजनी डळींची दिंडी पांयांनी चलत वा वाहनांत बसून हे यात्रेक मता. हाका वारी म्हणटात.

जात्रेच्या मुखेल धर्मीक आंगां वांगडाच तिका माजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक अशींय आंगां ासात. जात्रेंत भोंवतणच्या खेड्यांनी तयार जावपी



जात्रेंत रथ नाचयतना

वस्तुंचो वेपार मोट्या प्रमाणाचेर जावन खेड्यांतल्या कारगिरांचो चरितार्थ चलता. जात्रेंत जाण्टे-नेण्टे, बायलां-दादले, भुरगीं त्या त्या सणा-परबेप्रमाण वेगवेगळे भेस करून व्हडा संख्येन वांटो घेतात आनी समाजीक जिणेचो अणभव घेतात. आदल्या काळांत येरादारीचीं साधना उणी आशिल्ल्यान जात्रांतल्यान त्या त्या सणा-परबेप्रमाण त्या वाठारांत तयार जावपी वस्तूंक आनी मालाक खूब मागणी आसताली. अशे तरेन जात्रेक एक बरी बाजारपेठ म्हूण म्हत्व आशिल्लें आनी आयजूय कांय प्रमाणांत तें आसा. कपडे, आयदनां, खावपाचे जिनस, मिठाय, बैलगाडयो, जनावरां, खेळणीं ह्या वस्तुंचो वेपार जात्रांतल्यान मोट्या प्रमाणाचेर चलता. महाराष्ट्रांतल्यो कांय जात्रा जनावरांच्या वेपारा खातीर नांवाजल्यात. देखीक - नगर जिल्ल्यांतली कानिफनाथाची जात्रा गाढवांच्या वेपारा खातीर आनी नांदेड जिल्ल्यांतली मालेगांव हंगाची खंडोबाची जात्रा घोड्यांच्या वेपारा खातीर नामनेची आसा. ह्या खंडोबाचे जात्रेक लोक 'घोड्यांची जात्रा' अशें म्हणटात.

जात्रांनी रातकालो, गवळणकालो, तमाशा, नाटकां, कुस्त्यो, बैलगाडयांच्यो सर्ती, सर्कस, चित्रपट, आकाशपाळणे, घुंवपी लांकडी घोडे, जादूचे खेळ ह्या करमणुकीच्या कार्यावळींचो आसपाव आसता. जात्रेच्या निमतान कीर्तन, भजन, प्रवचन ह्या कार्यावळींक चार कडचे लोक एकठांय जमतात.

गोयांत सगळ्यां वाठारांनी जंय जंय देवळां आसात, थंय ल्हान- व्हड जात्रा जातात. ह्यां जात्रांनी काले, नाटकां, दिवजां, सांगोड, रथोत्सव, पालखी, विजयरथ अशे कार्यक्रम आसपावतात. गोंयच्यो कांय खाशेल्यो म्हत्वाच्यो जात्रा अश्यो : श्री बोडगेश्वराची जात्रा - म्हापशें, मारूतीची जात्रा - पणजे, श्री लईराईची होमखणाची जात्रा - शिरगांव, गड्यांची जात्रा - पैंगीण, काणकोण आनी साळ, वीरभद्राची जात्रा - सांगें आनी दिवचल, सत्र्यां जात्रा कुंकळ्ळी, श्री नवदुर्गेची जात्रा - मडकय, श्री म्हाळशेची जात्रा - म्हाड्डोळ, श्री मंगेशीची जात्रा - मंगेशी, श्री नागेशाची चैत्री पुनव - नागेशीं, बांदोडे, श्री शांतादुर्गेची पंचमिची जात्रा - कवळें, श्री रामनाथ जात्रा - रामनाथी, दत्तजयंती - सांखळी, नवो सोमार - दिवचल, श्री दामोदर सप्ताह - वास्को, हरी मंदीर दिंडी - मडगांव, श्री दामोदराचो गुलाल - जांबावले, पेडणेचो दसरो - पेडणें, सावयवेरेंचो कालो.

**- सं.**

**पुरक नोंद : 1) उरूस 2) फेस्त**

**जादू :** मनोरंजन करपी एक खेळ. जादू म्हळ्यार सैमाचेच गूण आनी नेम वापरून सादारण मनशाच्या नकळत असाध्य थारिल्ली गजाल साध्य करून घडयिल्लो चमत्कार. 'जादू' ह्या शब्दाची उत्पत्ती वैदीक साहित्यांतल्या 'यातू' ह्या उतरा वयल्यान जाल्या. हें उतर थंय व्यभिचार विद्या ह्या अर्थान वापरलां. इंग्लीश भाशेंत जादूक 'मॅजिक' (majic) अशें म्हणटात. तर जादू करप्याक 'जादुगार' (majician) अशें म्हणटात. जादुगार म्हणजेच हातचलाखी करपी मनीस. 'मॅजिक' हो शब्द, मूळ पर्शियन 'मॅगी, मॅजी' ह्या (maji) श वयल्यान आयला.

जादुच्या स्वयंचलित्राचो (मॅजिकल ऑटोमा) उ पयलेच फावट 1781 वर्सा फिलिप ब्रेसलॉ हाणें केल बासरीच्या तालार नाचपी यांत्रीक बावली, एक वि पालोवन दुसरो दिवो पेटोवपी यांत्रीक पक्षी हे ताचे क नमुने आसात. जादुच्या खेळांच्या साधनेंत व जाल्ल्यान जादुच्या प्रयोगांक स्वतंत्र आनी का स्वरूपी जाग्याची गरज निर्माण जाली. व्हडले गुद भाड्यान घेवन तांचें रूपांतर एका ल्हानशा नाट्यघर जालें. मेजार दवरिल्ली वस्त खिणांत नाच जावप वा त सुवातेर दुसरीच वस्त उत्पन्न करप, अशा प्रकारचे प्रय फकत आदेश दिवन जादुगार मदतनीसाच्या आदार करपाक लागले. उपरांत शास्त्रीय ज्ञानाचो उपेग जादु करपाक लागले. लोकांनीय अशा प्रकारचे प्रयोगां प्रतिसाद दिलो.

जादुच्या खेळांत गरज आशिल्लीं साधनां, व्हड दालनां, आनी प्रयोग माची उपलब्ध आशिल्ल्य जादुच्या खेळांचे प्रयोग विस्तृत प्रमाणार जावपा लागले. बारटोलोमेओ बॉस्को (1790-1963 लुडविंग लिओपोल्ड डॉब्लर (1801-64 अलेक्झांडर हाइमबर्गर (1819-1909) आदी. प्रवा जादुगारांचो उल्लेख करप गरजेचें आसा. तां वेगवेगळ्या देशांत आपले जादूचे प्रयोग दाखयल्या शास्त्रीय कल्पनेचो उपेग करून कागदी भुताचो (पे घोस्ट) प्रयोग डंकेल (1805-74) हो जादुग करतालो. ह्या प्रयोगांत हारशार भुताचें रूप दिसताले उजवाडाक लागून भुताक दाखोवप आनी नाच्च क (अदृश्य) शक्य जातालें. उपरांत हो प्रयोग खूब चल्ल जादुच्या दिव्याचो उपेग पयलीं रॉबर्टसन हाणें (1783 1837) केलो.

रॉकर्ट हौदिन (1805-71) ह्या फ्रेंच जादुगार जादुच्या उपकरणांत खूब नाविन्यताय हाडली. वेगवेग खेळ सादर करचे पयलीं ताणें जतनायेन आनी पद्धतशी

र्गवारी केली. ताका लागून ताका आधुनीक जादूकलेचो नक म्हणटात. विद्युत चिंबुकाचो उपेग करपी हौदिन हो ग्लो जादुगार. 1849 त भुरग्याक वाऱ्यार उबयत वरपाचो प्रयोग ताणें केलो. पूण तो प्रयोग खूब वर्सां यली भारतांत करताले, अशें म्हणटात. ताणें केल्ले खेळ री पोत्रे आसले तरी तातूंत ताणें परिपूर्णताय हाडिल्ली. ांचो अनुयायी जॉर्जेस मेलिस (1861 - 1938) हाणें ादुच्या प्रयोगांत चित्रपट - कॅमेऱ्याचो उपेग केलो.

टॉमस विल्यम टॉर्बिन हाणे रशाच्या आदारान वस्तू धांपपाचो योग केलो. तातुंतल्यान एकाद्याची मान ोडिल्ल्या स्वरूपांत दाखोवप शक्य ालें. जॉन नेव्हिल मास्किलिन 1839-1917) हाणें जादुच्या खेळांत ोलाची भर घातली. ताणें लंडनांत ादुचे खेळ प्रेक्षकांक दाखोवपा खातीर ्क्षकघर उबारलें. बंद पेटयेंतल्यान ुटका करून घेवप तशेंच वाऱ्यार ोणाच्याच आदाराबगर हुमकळपी नशाक वयर सकयल करपाचो प्रयोग ाणें केलो. 1875 वर्सा इस्पिकांनी ेळपी आनी मोलावणी (मेजप) करपी ंत्रमानव ताणें तयार केलो. डेव्हिड ायटन (1868-1941) हो प्रसिद्द ग्लीश जादुगार ताचो भागीदार आशिल्लो. बौटिअर डी ोल्टा (1845 - 1903) ह्या मास्किलियनच्या खेळांत ाम करपी जादुगारान अदृश्य जावपी बायल मनीस ्हॅनिशिंग लेडी) आनी उडपी सवण्यांचो पांजरो ल्फाइंग बर्ड केज) हो नवो प्रयोग सुरू केलो. डी कोल्टा ाणे आधुनीक काळ्या कलेंत सुदारणा केली. कांय अमेरिकेंतले जादुगार विशिश्ट खेळांतल्या निपुणतेबद्दल ्रसिद्द आसात. देखीक - इस्पिकांचो जादुगार हॉवर्ट थर्स्टन (1869-1936) आनी नाण्यांचो जादुगार टॉमस नेल्स डाउन्स (1867-1939). होरेस गोल्डिन (1873-1939) हाचो बायलेक मदीं खरवतेन कापपाचो प्रयोग उल्लेख करपा सारको आसा. चिनी जादुगारांत चिंगलिंग फू (1854-1918) हो प्रसिद्द आसा.

भारतांतूय जगाक आपल्या जादुच्या खेळांनी अजाप करपी जादुगार निर्माण जाल्ले आसात. तांचे मदीं ॲंडी जोसेफ, पी. सी. सरकार, के लाल, के. लेले, रघुवीर भोपळे (जादुगार रघुवीर), एल. के शहा, चंद्रकांत सारंग, डी. एल. कुलकर्णी, जंबुप्रसाद शर्मा आसात.



मनशाक अधांतरी हुमकळटाना जादुगार

मळबांत हुबपी दोरयेच्या जादूच्या प्रयोगाबद्दल (इंडियन रोप ट्रिक) आयजूय जगांत कुतुहल आसा. ह्या प्रयोगांत जादुगार आपल्याकडची दोरी हवेंत उडयता. ती उडयल्या उपरांत ह्या दोरयेचें एक पोंत (तोंक) जमनीर उरता. आनी दुसरेवटेंतले पोंत (तोंक) मळबांत चड वेळ मेरेन तशेंच वयर उरता. जादुगाराचो वांगडी ह्या दोरयेर वयर चडटा आनी अदृश्य जाता. जादुगारान ताका

सकयल देंवपाक सांगल्यार लेगीत तो देंवना. ते उपरांत जादुगार आपल्या तोंडात सुरी धरता, ती सुरी दोरयेच्या आदारान आपशीय वयर वता आनी पयलींच वयर चडिल्ल्या जादुगाराच्या वांगड्याचे हात, पांय धड हांचे कुडके जावन ते जमनीर पडटात. हे कुडके पळयतनाच साथीदाराची आवय हुडक्यांनी रडपाक लागता. उपरांत जादुगार साथीदाराचे कुडके पोतयेंत घालून ते नाच्च करता आनी कांय मंत्र म्हणून मळबांत फूंक मारून त्या साथीदाराक सकयल देंवपाक आज्ञा दिता. हो आदेश मेळल्या उपरांत अदृश्य जाल्लो आनी कुडके जाल्लो साथीदार सुखरूपणान ते दोरये वयल्यान सकयल देंवता आनी प्रेक्षकां मुखार उबो रावता.

महाराष्ट्रांत जादुची पयली शाळा डॉ. के. बी. लेले हाणें सुरू केली. वेगवेगळ्या शाळेंतल्यान जादूविद्येचेर व्याख्यानां दिवन तांणे तिचो प्रचार केलो. महाराष्ट्रांतलो आनीक एक जादूगार रघुवीर भोपळे हाणें आंतरराष्ट्रीय किर्ती मेळयली. एका शेतकाऱ्याच्या घराण्यांतलो तो एक भुरगो आसून ताणें पुण्याच्या अनाथ विद्यार्थी घरातं रावन आपली मॅट्रिकची परिक्षा उत्तीर्ण केली. पूण उपरांत ताणें जादुचोच खेळ होच आपलो वेवसाय म्हूण आपणायलो. ताणें भायल्या देशांनी आपले प्रयोग केले. आनी खुबशीं इनामांय मेळयलीं. जादुची शाळा नांवाची एक संस्था ताणें पुण्यांत काडल्या. दोळे बांदून रस्त्याचेर मोटरसायकल चलोवप, सपनसृश्ट, नोटींचो पावस, हातांतल्यान वीज निर्मिती, भुतांचो नाच आदी ताचे प्रयोग उल्लेख करपा सारके आसात.

गोंयांत डी. सतीश (सतीश दुकळे) आनी मार्कोह्या गोंयकार जादुगारांनी देशांत आनी परदेशांत जादुचे खेळ केल्यात. 'रूम ऑफ मिस्ट्री' ही गोंयकार जादुगारांची संस्था, गोंयांत जादूविद्येची साधना करता.

जादुच्या प्रयोगांतलें येस हें हस्तकौशल्य, यांत्रीक उपकरणांचो उपेग, शास्त्रीय अनी मानसशास्त्रीय ज्ञान, जादुगाराचें व्यक्तिमत्व आनी ताचे वेधक वक्तृत्व आदी. अनेक गजालींचेर अवलंबून आसता. हात आनी हातांचीं बोटां, तशेंच हेर अवयवांची चपळ हालचाल कर जादुगाराक गरेजचें आसता. जादुगाराक आपलीं क्रिय करतना ती वेळार जातली आनी प्रेक्षकां मुखार कश येतली हाची काळजी घेवची पडटा. विविध प्रकारच्य जादुच्या खेळांची निवड आनी क्रम जतनायेन करच पडटा.

जादुगार आपल्या खेळाच्या प्रयोगांत नवी भर घालप खातीर सदांच प्रयत्न करीत आसतात. पूण सगळ्यांकू ही कल्पकता वा संशोधनक्षमता आसताच अशें ना तेचप्रमाण जे बरे कल्पक आसतात ते बरे तरेन प्रयो करून दाखोवंक शकताच अशेंय ना. बरे कल्पव जादुगारा परस आकर्शक रितीन प्रयोग करून दाखोवप जादुगार चड येसस्वी जाता.

जादुगार तीन प्रकारच्या साधनांचो उपेग करत आसत : 1) प्रेक्षकांच्या दोळ्यांनी जशी दिसतात, तशा तश आशिल्ली साधनां. 2) स्वताच्या प्रयोगांक मद करपाच्या नदरेन वस्तूंचे सभावीक दृश्य स्वरू बदलनासतना गुपीत दवरून बदललेलीं साधनां. 3 प्रेक्षकांक दिसचीं नात तशेंच लक्षांत येवचीं नात अश साधनां. जादुगार ह्या तिनूय प्रकारच्या साधनांच गरजेनुसार उपेग करत आसता. तशेंच जादुच्या खेळांचे चार प्रकार करूं येता. 1) निव्वळ हातचलाखेचो खेळ देखीक : हातांतल्या हातांत नाणें नाच्च करप, रिकाम्य हातांतल्यान सिगार काडप आदी. 2) खास तयार केल्ल पूण वयल्या वयर सामकीं सादें भासपी उपकरणांच्य आदारान केल्ले जादुचे खेळ. तातूंत स्टूल, मेज,आयदन आदी. नाच्च करप. 3) सर्वसादारण प्रयोग. देखीक इस्पिकांचो जादू 4) रसायनां आनी विद्युत - प्रवाहाच्य मजतीन केल्ले प्रयोग. देखीक : रंग बदलपी फुलां. उ खुर्चेर कोणूच बसूंक शकना अशी भुताची खुर्ची.

जादूकला सगळ्या देशांतल्या, काळांतल्या आन थरांतल्या लोकांक आवडपी अशी कला. प्रत्येव देशांतली कला त्या देशांत मेळपी साधनांचेर अवलंबू आसता. देखीक : चीनांतले भाले, बशयो (पिरी)

ाडयो हांच्या आदारान प्रयोग करतात. भारतांत जिवाणें, ांब्याच्यो कोयो हांचोय उपेग खेळांत करतात. युरोपांत जां, कदेलां, तोपयो, कंवचेचीं आयदनां हांचो उपेग रतात. जपानांत कोंड्यापसून आनी धव्या लाकडापसून यार केल्ल्यो पेटी आनी कागदी फुलां हांचो आसपाव ंच्या प्रयोगांत चड करून जातात.

· आधुनीक काळांत वैज्ञानीक - तंत्रीक ज्ञान आनी ाधना हांच्या आदारान सर्वसामान्य मनशाच्या बुद्धीक ातर्क्य दिसपी प्रयोग करतात. 1964 वर्सा लंडनाच्या ंजिक सर्कलच्या माचयेक एक अद्‌भुत प्रयोग ाखयलो. इस्पिको पिसून एका कंवचेच्या पेल्यांत वरल्यो. सरभोंवतणी खंयच सूत-दोरे ना हाची खात्री ारून घेवपाक प्रेक्षकांक सांगले. उपरांत जादुगारूय ाक्षकांत येवन बसलो. प्रेक्षकांमदल्या एकाक माचयेर ाचून खंयचीय एक इस्पीक काडून माचयेर व्हरून वरपाक लायली. उपरांत अजाप म्हणजे सकयल वरिल्ली इस्पीक आपशीच हवेंत उबपाक लागली आनी ळूच वचून पेल्यांत बसली. भर दिसा काळो पड्डो ापरनासतना हो प्रयोग केलो. शेवटाक जादुगारान ायोगाचें गुपीत सांगलें तें अशें : इस्पिकांक विशिश्ट ाकारचें रसायन लायिल्लें आनी जेप्रमाण मळबांत ज्याबाणांक मार्गदर्शन केल्लें आसता, तशे जादूगाराचो ाथीदारा वरवीं कुशीक आशिल्ले कुडींत बसून डिओच्या आदारान इस्पिकांक हवेंत उबयत दवरूंक ाक्य जातालें.

हातचलाखीचे प्रयोगय प्रगत जायत आसात. जादुगार उलयतां उलयतां प्रेक्षकांची घडयाळ, बोल्सांतलें पाकीट ाहजतायेन काडून घेवंक शकता. ह्या प्रयोगाक ातचलाखी प्रमाणूच मोहक वक्तृत्वावयरूय जादुगाराचें ाभुत्व आसचें पडटा. एकाद्याची नोट मागून घेवन ताचेर ाची सय घेवन ती हातांतल्या हातांत नाच्च करून दुसऱ्या ाक्षकांच्या बोल्सांतल्यान काडप, दादल्याचो लेस ायलेच्या पर्सिंतल्यान काडप, एकाचे नाणें घेवन तें दुसऱ्याच्या नाकांतल्यान काडप, अशा तरेचे प्रयोग फकत धा-पंदरा मिनटांच पळोवंक बरें दिसता. कारण तातूंत भपकेदार भाग आसनात. माचये वयले पड्डे, मेजां, कदेलां, वेगवेगळ्या प्रकारच्यो पेटी, विविध प्रकारची उजवाड येवजण आदी. साधनांनी केल्ले प्रयोग वरांची वरां पळयले तरी प्रेक्षक बेजारनात. आनीक एक प्रकार जादूंत आयला तो म्हणजे गणितांचो जादू. व्हडल्या संख्येचें वर्गमूळ, धनमूळ सांगप, पांच व्हडल्या संख्यांची बेरीज सांगप आदी. खरे म्हणजे हे प्रयोग स्मरणशक्तीचे आसात. पूण जादुच्या खेळाप्रमाणूच तातूंत प्रेक्षकांक अजाप करपाचें सामर्थ्य आसता.

- **सं. मं.**

**जादू टोणो :** वायट करणे खातीर जादू विद्येचो वापर करचे कृतीक जादू-टोणो म्हणटात. हाका इंग्लिशींत चेटूक-कला (witch craft) म्हणटात. कांय मांत्रीक हे विद्येचो दुरूपयोग करून तिचे वरवीं समाजघातकी कृती करतात. हे कृतीक करणी करप म्हणटात. ह्याच कारणाक लागून हे विद्येक सैतानाची विद्या समजून आदल्या काळांत धर्मगुरूंनी हे विद्येचेर बंदी घाल्ली. अशें आसलें तरी आदल्या काळांतल्या आनी कांय प्रमाणांत आयच्या काळांतल्याय बाल साहित्यांत, विशेश करून अद्‌भूत वा भयकथांनी चेटकीण आनी तिची चेटूक विद्या दाखोवपी बाल साहित्य आसा.

आजय कांय तांत्रीक मांत्रीक करणी करपाचो विधी करून समाजघातकी कर्मां करतात. हाचेर कांय लोकांचो विस्वास आसा. अशे करणेक विज्ञानीक आदार नाशिल्ल्यान आधुनीक काळांत सुशिक्षित लोक तिचेर विस्वास दवरिना.

- **सं.**

**जानवें (यज्ञोपवित) :** आंगार धारण करपाचो पवित्र सुता-पोड. गुंजिच्या वा उपनयन संस्कारा वेळार बटुच्या आंगार जो

सुताचो पोड घालतात ताका जानवें म्हणटात. पूर्विल्ल्या काळांत बायलोय जानवें घालताल्यो. गोभिलगृह्यसूत्रांत (2.1.18) लग्नावेळार व्हंकलेन जानवें घालचें, अशें म्हळां. जानव्याक यज्ञोपवीत म्हणटात. यज्ञ-उपवीत म्हणजे यज्ञार्थ उपवीत. जानवें घातल्या उपरांत यज्ञ करपाचो अधिकार प्राप्त जाता, असो हाचो अर्थ जाता.

जानवें कापसाच्या सुतान तयार करतात. हें सूत ब्राह्मण वा ब्राह्मण कुमारिकेन काडिल्लें आसचें. जानवें तीन पदरी आसूंक जाय. तीन धागे एकठांय करून ताचो एक पदर करतात. अशे तीन पदर एकठांय करून गांठ मारतकच जानवें तयार जाता. अशा तरेन जानव्याक णव सुतां आसतात. ताची लांबी 96 आंगळा आसची. जानवें तयार करताना विशिश्ट मंत्र म्हणटात उपरांत तें सुर्याक दाखोवन धारण करतात. जानवें धारण करतना फुडलो मंत्र म्हणटात.

**यज्ञोपवितं परमं पवित्रं प्रजोपतेर्यत सहज पुरस्तात ।**

**आयुष्यमभ्यंरं प्ररिमुन्च शुभ्र यज्ञोपवींत बलमस्तु तेज :॥**

**अर्थ :** पुराय पवित्र, पयलीं ब्रह्मदेवासयत उत्पन्न जाल्लें आर्यवर्धक, सगळ्या वस्तूंत धवें आनी श्रेश्ठ अशें जानवें तूं धारण कर, तेंच तुजे बळ आनी तेज आसा.

याज्ञवल्कान यज्ञोपवीताक ब्रह्मसूत अशें म्हटलां. तें दाव्या खांदार आनी उजव्या हाताखाला लांबता अशें घालतात. तें सदाच देवकार्या वेळार दाव्या खांदार म्हळ्यार सव्य आसता. पितृकार्यांत तें उजव्या खांदार म्हळ्यार उपसव्य आसता आनी हेर वेळार म्हळ्यार मानुशकर्माच्या वेळार ते निवीती माळेसारकें घालतात.



जानव्याचें तीन पोड (पदर) आवय, बापूय आनी गुरू हांचें विशी आशिल्ल्या रिणाचें प्रतीक आसात. संवसारांत सत्व, रज आनी तम अशें तीन गूण आसात. हेवूय गूण तीन पोडयुक्त जानवें दाखयता. जानवें बोंबले मेरेन पावता अशें दवरचें. बोमलेच्या वयर वा सकयल पावत अशें दवरचें न्हय. नाजाल्यार आयुश्य उणें जाता. केल्लें तप फुकट वता अशें कात्यायनी गृह्यसूत्र सांगता. ब्रह्मचाऱ्यान एक, गृहस्थाश्रमी आनी वानप्रस्थ हांणी दोन आनी यतीन एक जानवें घालचें अशें देवलान म्हळां. एकान दुसऱ्याचें जानवें घालूंक जायना. जानवें तुटलें, तर तें उदकांत सोडून नवें जानवें घालचें अशें मनू सांगता. ब्राह्मणान कापसाच्या सुताचें, क्षत्रियान तागाच्या दोऱ्याचें आनी वैश्यान बोकडयाच्या लोकरिच्या धाग्याचें यज्ञोपवीत वापरपाचेंअशें मनून सांगलां.

पारशी धर्मांत सुर्याक जानवें दाखोवन ताच्या खाशेल्या मंत्रोच्चारान जानवें वा दोरो घालपाचो विधी आसा.

किरिस्तांव धर्माच्या, रोमन कॅथलीक पंथांत कमराक लोकरेचें सूत बांदतात. ताका तीन गांठी आसतात. प्रोटेस्टंट पंथांत दोरो कमराक बांदतात. इंग्लंडच्या धर्मचार्याचे कमरेक दोरो आसता.

गुरूगोविंदसिंहाच्या 'पंथप्रकार' ह्या ग्रंथांत शीख पंथांत जानवें घालपाची पद्दत आसली. हे विशी स्पश्टीकरण मेळटा, त्यो वळी फुडले तरेन आसात.

**पीत जनेऊँ मनो वर्दात शशी पै विजुरी विजुरी भ्राजै।**

**पीत पुनीत उपरनार्धोती रवि नव छाजै॥**

मुसलमान धर्मांत सुत्ररूप आशिल्लो गंडो बांदतात. मौलवी लोक पिराय, भलायकी आनी बुद्द

ऊपा खातीर गंडो बांदतात. 'ताजे' नांवाच्या स्राद्ध
कारांत तांबड्या रंगाचो कापडाचो कुडको नाजाल्यार
बडो दोरो खांदार दवरतात. तशें केल्यार मृतात्म्याक
द्गती मेळटा असो समज आसा. हाज यात्रेच्या वेळार
त्रो कापडा कुडको वा धवो दोरो गळ्यांत बांदतात.

बुद्धगयेच्या बुद्धाच्या गळ्यांत जानवें आसा. लामा
र्थीय लोक कमराक लोकरीचें सूत बांदतात. जैन
ोकांतूय जानवें घालपाची चाल दिसता.

प्रत्येक धर्मांत जानव्या विशींचे उद्देश, विधी आनी
कार विंगड विंगड आसले तरी सगळ्या धर्मांनी पवित्र
ावनेन दोरो, सूत वा जानवें घालपाचे विधी आसात.

हिंदु धर्मांत ब्राह्मण, क्षत्रीय आनी वैश्य वर्णांत (जातींत)
ानवें घालपाचो मूंज हो संस्कार विधी आसता. हो
स्कार आदल्या धर्मशास्त्राप्रमाण, ब्राह्मणान आठव्या
र्सा, क्षत्रियान इकराव्या वर्सा आनी वैश्यान बाराव्या वर्सा
रचो आसतालो. सद्याच्या काळांत पिरायेचें बंधन कोण
डलेंशे पाळिना. पूण हो संस्कार लग्न करचे पयलीं
ावंचो हें बंधन मात पाळटात.

वयले तीन वर्ग सोडून, हेर वर्ग (जाती) मूंज हो संस्कार
रिना आसले तरी, सुता पुनवेक जानवें (सूत) गळ्यांत
ालता. म्हणून हे पुनवेक सुता पुनव म्हणटात.

**कोंकणी म्हण : जानवें घालून बामण जायना.** हे
हणी फाटल्यान दोन अर्थ आसात. 1) बामण (ब्राह्मण)
ावपाक फकत जानवेंच पुरो नासता. ब्रह्मविद्याय
ात्मसात करची लागता. ती केल्याबगर कोण बामण
ायना. 2) जल्मान बामण आसलो आनी संस्कार म्हणून
ानवें घालें पूण ब्राह्मणत्व आपणायलें ना तर तो बामण
ायना.

**पुरक नोंद : 1) मूंज, 2) नारळी पौर्णिमा, 3)
ुतापुनव**

**- सं. मं.**

**जांब :** मराठी : जांब गुलाबी, हिंदी : गुलाब जामन, गुजराती : गुलाब जांबु, संस्कृत : जंबू, इंग्लीश : रोझ, ॲपल, लॅटिन : सायझिजियम जांबोस

आंबट - गोड (तोरट) फळां दिवपी झाड. सदांच पावचेंचार आसपी हें झाड सादारणपणान 9 मी. मेरेन वाडटा. हें झाड ऊंच आनी पसरट आसता. ताच्या सोबीत फुलांक आनी रूचीक फळांक लागून चड करून हें झाड कुळागारांत रोयतात. फुलां पाचव्या रंगाचीं जाल्यार फळां सादारण हळडुवसार ते धवसार गुलाबी रंगाचीं आसतात.

पळोवपाक सारकीं सफरचंदा सारकीं दिसतात. फळांत 1-2 बियो आसता. ह्या फळाक गुलाबा सारको वास येता. देखून 'गुलाब जामन' हें नांव पडलां आसूं येता. जांबाचीं झाडां थंडायेच्या जाग्यार सहज जातात. फेब्रुवारी म्हयन्यांत ताका पाचवीं, धवशीं वा तांबशीं अशीं मोटी वासाळ फुलां फुलतात. हें झाड फेब्रुवारी - एप्रील म्हयन्यांत फुलता आनी जून ते ऑगस्ट म्हयन्यांत फळां दिता. गुलाबी जांबा वांगडा जांबाची आनीक एक जात म्हळ्यार मलाका जांब. ह्या झाडाक वर्सांतल्यान तीन-चार खेपो फळां येतात. झाडाच्या अर्ध्या भागाची फळां पिकून गळटात तेन्ना दुसरे वटेन पानां आनी फुलां येतात. आनी हीं पिकलीं म्हणटकच परत पयल्या अर्ध्या भागांनी पानां फुलां येवपाक लागतात.

बियो रोवन तांचे रोपें काडून रोयतात. पिके जांब फळ म्हणून खातात. जांबापसून मुरंबो आनी जेली तयार करतात. फळाचो रोस मेंदू आनी यकृताक पुश्टीक आसता.

**- सं. मं.**

**जांबळ :** मराठी : जांभूळ, हिंदी : जामुन, गुजराती : जांबुडा, संस्कृत : जंबु, इंग्लीश : ब्लॅक प्लम, लॅटीन : सायझिजियम क्युमिनी

एक फळ झाड. वर्सयभर पाचवेंचार उरपी हें झाड सुमार 30 मी. मेरेन ऊंच वाडटा. झाडाचो घेर सुमार 3.6



मी. मेरेन आसता. साल 2.5 से.मी. जाड. पानां एकामेकां सामकार आनी दाट पाचवीं आसतात. पानांची लांबाय 7.5 ते 15 सें.मी. आनी रूंदाय 3.8 ते 6.3 सें.मी. आसता. जांबळाच्यो खास अशो जाती नात. पूण दोन प्रकार आसात. ते अशे : 1) रा-जामन : ह्या प्रकाराच्या झाडाक मोटीं जांबळां लागतात. तीं गोड आसतात आनी भितरल्यो बियो बारीक आसतात.

2) काथा : ह्या प्रकारचीं जांबळां बारीक आनी रूचीक आंबट आसतात.

फुलां भितरल्यान हळडुवीं जाल्यार भायल्यान लेव पाचव्या कोराचीं आसतात. फुलांच्यो चार पाकळ्यो वेगवेगळ्यो आसतात. ह्या फुलांनीं बऱ्याच प्रमाणांत म्हौंव आसतात. फळां एके बियेचीं लांबट, वाटकुळीं आसतात. हीं फळां पिकतकच रूचीक बरीं लागतात. तीं खातकच जीभ आनी ओंठ कांय वेळ मेरेन दाट आनी जांबळेंच उरतात. ह्या झाडाक फेब्रुवारी - मार्च म्हयन्यांत फुलां येतात आनी एप्रील - मे म्हयन्यांत फळां येतात.एका झाडाक सुमार 100-150 कि.ग्रॅ. जांबळां लागतात.

पद्दतशीर लागवड करपा खातीर बियो काडून 10 ते 15 दिसां भितर किल्लत घालतात. जांबळाचे बियेचें खाशेलपण म्हळ्यार एके बियेंतल्यान बरींच रोपां किल्लून येतात. कलम पद्दतीनूय ह्या झाडाची लागवड करतात. शास्त्रोक्त पद्दतीन लागवडी खातीर 1x1x1 मी. (लांब, रूंद आनी खोल) 10x10 मी. अंतराचेर फोणकुलां मारून पावसाचे सुरवेक तातूंत रोंप वा कलम रोयतात. सुरवातीचीं पांच वर्सां झाडाक सुमार 20 कि.ग्रॅ. कंपोस्ट वा शेणसारें दितात. उपरांत हें प्रमाण ल्हव ल्हव वाडोवन 10 वर्सां आनी ताच्या वयल्या झाडाक 100 कि.ग्रॅ. कंपोस्ट वा शेणसारें घालतात. जमीन पिकाळ आसल्यार झाडाक रसायनीक सारीं घालपाची गरज ना. पूण हलक्या दर्जाचे जमनींत वाडिल्ल्या झाडाक सुमार 10 वर्सां उपरांत 250 ग्रॅ. नत्र, 250 ग्रॅ. पलाश दितात. हें सारें सादारणपणान ऑगस्ट म्हयन्यांत दितात. ह्या झाडाक रोगाचो वा किडिंचो व्हडलोसो उपद्रव जायना. पानां खावपी कीड आनी धवे मूस हांचो केन्नाय उपद्रव जावं येता. असो उपद्रव जाल्यार 0.03 टक्के मॅलाथीयोन वा डायमेथोएट ह्या जंतुनाशकांचो फवारो मारतात. फळां कुसपाचो त्रास जाल्यार डायथेनझेड - 78 हें जंतुनाशक 0.2 टक्के फवारतात.

गोंयांत जांबळांचे रूख काजूचे लागवडींत आनी न्हंयांचे देगेर सैमीक पद्दतीन जाल्ले दिसतात. जांबळाच्या झाडाचें लाकूड घराच्या मदेराक आनी शेतकारांची उपकरणां करपा खातीर वापरतात. झाडाचे सालींतलें टॅनीन हें द्रव्य चामडें रांपोवपा खातीर वापरता. गोड्या मुताच्या दुयेंसांचेर जांबळांचीं फळां उपेगी पडटात. फळांपसून सोरो, जेली, सरबत, व्हिनीगर तशेंच लोणचीं तयार करतात. झाडाचीं पानां रस्मी किडे पोसूंक वापरतात. तशेंच ताचो पालो गोरवां, मेंढरां, बोकड्यो हांचे खातीर खावड म्हूण उपेग जाता. तरन्या पानांचो कसाय पोटांतल्या विकारांचेर वखद म्हूण घेतात.

वैजकी उपेग करचे पयलीं जाणकाराचो सल्लो

वचो.

**कोंकणी उमाणें : व्हडलो रूख ताका कोळशेच ोळशें. (जांबळ)** जांबळाचो रंग कोळशाच्या रंगाक ागीं कसो काळपट आशिल्ल्यान, ताचे वयल्यान हें माणें घडलां.

**- सं. मं.**

**जांभेकर, बाळशास्त्री** : मराठी वर्तमानपत्र वेवसायाचे जनक ानी पयले आंग्लशिक्षित पिळगेतलो कोंकणांतलो एक रिश्ट विद्वान. ताचो जल्म रत्नागिरी जिल्ल्यांतल्या



ोंभुर्लेगांवांत जालो. गंगाधर शास्त्री ह्या बापायच्या ार्गदर्शना खाला प्राथमिक शिक्षण घेतल्या उपरांत मुंबय ावन सदाशिव काशिनाथ उर्फ 'बापू छत्रे' आनी ापूशास्त्री शुक्ल हांचे कडेन ताणे इंग्लीश आनी संस्कृत ासो शिकून घेतल्यो. ह्या दोनूय विशयां बराबर गणित ानी शास्त्र ह्या विशयांत ताणें प्राविण्य मेळयलें. कितल्याशाच भारतीय आनी परकी भासांचो ताणें परिचय करून घेतिल्लो. 'बाँबे नेटिव्ह एज्युकेशन सोसायटीचो 'नेटिव्ह सेक्रेटरी', अक्कलकोटच्या युवराजाचो शिक्षक, एलफिन्स्टन इन्स्टिट्युटांत पयलो असिस्टंट प्रोफेसर, शाळा निरिक्षक, अध्यापन शाळेचो (नॉर्मल स्कूल) संचालक अशा पदांचेर ताणें कामां केल्यांत. 1840 सालांत ताका 'जस्टिस ऑफ द पीस' चो किताब दिलो.

'दर्पण' हें वर्तमानपत्र 1830 सालांत उजवाडाक हाडून मराठी वर्तमानपत्र वेवसायाची ताणें बुनयाद घाली. 1840 सालांत ताणें स्वता 'दिग्ददर्शन' हें मराठींतले पयलें लोकशिक्षण आनी ज्ञानप्रसार होच हेतू ह्या उपक्रमा फाटलो आशिल्लो.

भुगोल, व्याकरण, गणित, इतिहास आदी विशयांचेर ताणें ग्रंथरचना केली. कांय पाठ्यांतरां नोंदून ताणें ज्ञानेश्वरीचें संपादन केलें. 'रॉयल एशियाटीक सोसायटी'च्या कार्यांत वांटो घेवपी तो पयलो विद्वान. ह्या संस्थेच्या तीन म्हयन्याळ्यांत भारतीय शिलालेख आनी ताम्रपट ह्या संबंदी ताचे संशोधनात्मक निबंध येताले.

ताचें विचार प्रागतीक आशिल्ले. क्रिस्तांव धर्मांतल्या घरांत रावपी एका भुरग्याक घराभायरो केलो तेन्ना बाळशास्त्रीनूच रोखडोच त्या भुरग्याक सनातनांचो विरोध आसूनय ताका शुद्ध करून परत हिंदू धर्मांत घेवपाची वेवस्था केली. थोड्या काळाच्या पिडेंत ताका मुंबयत मरण आयलें.

**- सं. मं**

**जाय** : मराठी : जाई, हिंदी : चमेली, गुजराती : चंबेली, कन्नड : जाति मल्लिगे, संस्कृत : मालती, इंग्लीश : स्पॅनिश जॅस्मिन, लॅटीन : जॅस्मिनम ऑफिसिनेल फार्मा ग्रँडिफ्लोरम.

ही एक फूल वाल. हे वालीक लांब ताळयो येतात. आनी लागसार जो आदार मेळटा ताचेर त्यो चडटात. एके एके ताळयेक सात ते इकरा पानां आसतात आनी तातूंतलें निमाणें पान हेर पानां परस व्हड आसता. ताळयेच्या

तोकांक वा पानांचे ताळयेच्या मदल्यान ताळये परस लांब फुलांची ताळी येता. तिका नाजूक, धवी आनी पोंदचे वटेन जांबळीं आशिल्लीं, पांच पाकळ्यांची मंद वासाळ फुलां येतात. धवी जाय आनी रानजाय अशे दोन जायांचे प्रकार आसात. धवी जाय झोंपांनी मोडणां घेत वाडटा. हे वालीक उण्या प्रमाणांत फुलां येतात. हे जायेचें चार वा पांच पाकळ्यांचें फूल रंगान धवें आनी वासाळ आसता. रानजायेक भरपूर खांदयो येतात आनी त्यो मेळत तशो पसरतात. हिची पानां काळसार पाचवीं आनी कोडू तशींच विखारीय आसतात. ह्या झाडाक लांब, धवीं आनी नळये आकाराचीं फुलां येतात.

हे वालीक पिकाळ आनी उदक सांठून उरना तसली (दोंगुल्लेचें पालसाण) जमीन लागता. मार्च-एप्रील ह्या म्हयन्यांत जमीन खणून माती बारीक करून दवरतात. उपरांत जून म्हयन्यांत आळीं बारीक करून दवरतात. उपरांत वालींच्यो ताळयो 1.5 -3 मी. अंतराचेर लायतात. जशी वाल वाडूंक लागता तसो माटव घालून तिका माटवार चडयतात. जुलय ते सप्टेंबर म्हयन्यांत फुलां येवंक लागतात. हे वालीक तांबेरा, पानावेले दाग आनी काजळी हे रोग जातात. तेन्ना तांचेर बोर्दोमिश्रण (कॉपर सल्फेट आनी चुनो) वा हेर रोगनाशक द्रव्यांचो फवारो मारतात. गोयांत म्हाड्डोळ आनी बोरये ह्या दोन वाठारांनी ही लागवड चड प्रमाणांत करतात.

बऱ्यांत बरी वासाळ द्रव्यां, शाबू, सौंदर्य प्रसाधनां, दंतमंजनां, धूप, तंबाकू आदी वस्तू तयार करपाक जायांचें तेल वापरतात. पानांचो रोस 'किल्ली' ह्या रोगाक लायतात. दोळ्यांच्यो पिडा, तकली उसळप, कान दुखप अशां पिडांचेर ह्या झाडापसून तयार केल्लीं तेलां आनी अत्तरां उपेगी पडटात. कृमिनाशक, मूत्रल (मूत निवळ करपी) आनी मासिक पाळीच्या दुखण्याचेर ही वाल उपेगी पडटा. जायांचो उपेग देवाक फुलां ओंपपाक वा मखराचे सजावटीक आनी बायलां केंसांत माळपा खातीर करतात.

-सं. मं

**पुरक नोंद : जायां - पुजा**

**जायफळ** : मराठी : जायफळ, संस्कृत : जातिफलम, कन्नड : जाजीकाई, इंग्लीश : नटमेग, लॅटिन : मिरिस्टिका फ्रॅग्रन्स.

एक मसालो - फळ. मसाल्यांतलें अत्यंत उपेगी अशें हें फळ. हीं झाडां चड करून कुळागरांत जाता. ह्या रूखाची उंचाय णव ते बारा मी. आसता. ह्या रूखाक बाराय म्हयने पानां आसतात. जायफळाची नर, मादी आनी उभयलिंगी अशीं तीन तरांचीं झाडां जातात. ताची साल गडद उदी कोराची, काळसार आनी फटी आशिल्लीं, पानां चिवट, एका फाटल्यान एक, सादीं,



बी

पारदर्शक तिबे आशिल्लीं, लांब, वाटकुळीं वा भाल्या सारकीं आसतात. डिसेंबराच्या सुमाराक चवरा भशेन, तुऱ्याचेर लेव हळडुवीं आनी वासाळ फुलां येतात. ह्या रूखाक 6 ते 9 सें.मी. लांब, वाटकुळीं वा पेरांभशेन मांसाळ एककुडीं जोडयेन वा घोंसांनी मृदुफळां येतात. हीं फळां सुरवेक हळडुवीं आनी उपरांत तांबसार जातात. ताची बी लांबोडी वाटकुळी आसून ताचें भायलें कट्टें गडद पिंगश्या कोराचें आनी शेंदुरी रंगाचें जाळीदार पत्रीन (पड्डो) धांपिल्लें आसता. हाकाच 'जायपत्री' वा



फळ

रामपत्री' म्हणटात. जायफळांक उग्र वास आसता आनी ीं रूचीन तिखट आसतात. जाल्यार जायपत्री तिखट, कोडसार रूचीक आनी उश्ण आसता.

ह्या रूखाक उश्ण आनी ओलसार वातावरण बरें मानवता. देखून शास्त्रीय उद्यानांत आनी कोंकण, कारवार, केरळ आनी आसाम ह्या वाठारांत हे रूख ज्ञायतात.

जायफळाचे लागवडी खातीर पिकाळ आनी खोल ज्ञमीन, उश्ण आनी पावसाळी वारें आनी वर्सुकी सुमार 150 -175 सें.मी. पावस लागता. सुरवेक बियां पसून रोपें किल्लून काडटात आनी उपरांत ते 60 ते 90 सें.मी. उंच जातकच आपल्याक जाय त्या जाग्यार 8-90 मी. अंतराचेर लायतात.

नर झाडा पसून फळां मेळनात. देखून ताचो उपेग फकत परागीकरणा खातीर जाता. जायफळ दुदांत घालतकच ताका एक आगळीच रूच येता. दाडी-दात दुखता आसत जाल्यार जायफळ झरोवन वखद म्हण लायतात. रक्तवाता सारक्या दुयेंसांक जायफळाचें तेल लायतात. पोटांत त्रास जाल्यार वा दूख पडल्यार तशेंच जिरवणेचें वखद म्हण जायफळ उदकांत वा दुदांत झरोवन दितात. जायफळाची जायपत्री वा रामपत्री मसाल्यांत वापरतात. पेय, शाबू, तंबाकू, दांत घांसपाचो पिठो, वासाळ प्रसाधनां, केंसाक घालपाची तेलां हातूंत गरांपसून वा पत्रीपसून काडिल्ल्या तेलाचो उपेग करतात.

लोणचें, मुरांबे आदी करपाक पिकिल्ल्या फळांच्या सालींचो उपेग करतात. इबाडिल्ल्या जायफळा पसून चरबीयुक्त पदार्थ काडटात. ताका जायफळाचें लोणी म्हणटात. ह्या लोणच्याचो उपेग शाबू तयार करतना ताका वास हाडपा खातीर तेचपरी संधीवात, आदींचेर लावपाच्या मलमांत करतात.

**जायपत्री : पळयात → जायफळ**

**-सं. मं.**

**जायां पुजा :** एक आगळे तरेची सत्यनारायण पुजा. हे पुजेक सुमाराभायर जायां-फुलांची आरस करतात, म्हणून तिका जायां पुजा म्हणटात. अशे तरेची पुजा गोंयांत जायत्या देवस्थानांनी जाता आसली, तरी म्हाड्डोळच्या, म्हाळशेच्या देवळांत जावपी जायां-पुजेक, एक आगळें स्थान प्राप्त जालां. म्हाड्डोळचे नाईक फुलकार समाजाचे लोक सामुदायीक रितीन ही वर्सुकी पुजा करतात. फुलकार समाजांतल्या दर एकल्याक, दर वर्सा ही पुजा करपाचो मान मेळटा. म्हाड्डोळा भाद्रपद म्हयन्यांत, सप्तमी तिथीक ही पुजा बांदतात.

हे पुजे फाटल्यान एक इतिहास आसा. कोंकणांत सत्यनारायण पुजेची आंगवण करपाची प्रथा आसा. कसलेंय संकश्ट आयलें तर तें परतून लावपाची देवा कडेन मागणी करताना देवाची कसली तरी सेवा वा देवाक कसले तरी दान करपाची आंगवण करप जाता. हे आंगवणेंत सत्यनारायण- व्रत (पुजा) करप ही एक आंगवण आसता. 1914 सालांत म्हाड्डोळ गांवांत पटकी जोराची धाम आयिल्ली. जायते लोक जोरान फडफडटाले. म्हाड्डोळ गांव हो जायां फुलां गांव. तेन्नाच जायां-फुलांचो मोसम आसलो. पूण जायो काडून विकपी फुलकारांची भलायकी बरी नाशिल्ल्यान जायांचो वेवसाय थंडावल्लो. ह्या संकश्टा वेळार फुलकार समाजांतल्या लोकांनी गांवच्या म्हाळशेच्या देवळांत गाराणे घालून ही धाम पयस करपाची



जायां-फुलांची केल्ली आरस

म्हाळसा देवीक विनंती केली. दर वर्सा एक दीस सगळ्यो जायो( जायां-फुलां) देवीक ओंपून पुजा करतले अशी तांणी आंगवण केली. हे आंगवणे उपरांत धाम निवळत गेली आनी लोकांक भलायकी प्राप्त जाली. तेन्नाच्यान दर वर्सा म्हाळशे देवळांत जायां-पुजा बांदतात.

जायां पुजे दिसा, म्हाड्डोळचे फुलकार एकय जाय विकिनात. त्या दिसाच्यो सगळ्यो जायो म्हाळशेच्या देवळांत घेवन येतात. मागीर भर्गकूड धरून देवूळभर आनी देवळा भायर तांची सोबीत अशी आरास करतात. देवळाच्यो सगळो वाठार धव्या फुल्ल जायां-फुलांनी आनी तांच्या घमघमीत वासान भरून ओतता. थंयचो देखाव मनभुलोवणो आनी थंयचें वातावरण मन परमळीत करपी आसता.

जायां-पुजेंतल्या सत्यनारायण व्रताचें खाशेलेंप म्हणजे सत्यनारायणाची स्थापना करपाक जें आस करतात ताका दर वर्सा वेगळें रूप दिता. विजयरथ अंबारी, गरूडासन, मयुरासन, सुखासन, लालखी सांगोडा, मखर, सिंहासन, पुश्पक विमान अशें सुंद देखाव्याचें आसन जायां-फुलांनी सोबीत सजयतात.

पुजा जातकीर पुराण, किर्तन, भजन जावंन म्हाआर जातकीर पुजाविधी सोंपता. हे पुजेचे एक आकर्ष म्हणजे, पुजेच्या निमतान थंय नामनेच्या गायकांच्य गायनाच्यो मैफिली आनी सांस्कृतीक कार्यावळी जाता.

- डॉ. अनंत राम भ

**जावळ (काडप) :** भुरग्याचे पयले केंस कापणेक जावळ काडप म्हणटात. ही केंस कापणी एके खाशेले धार्मीक विधीन करता. कुलदेवाचे तळये-कांठार भुरग्याक बसोवन, ते संबंधिंचो जो धार्मीक विधी आसा, तो भटावरवीं करून, म्हाल्याकडच्यान केंस कापून घेता. उप्रांत त्या भुरग्याक तळयेच्या उदकांत न्हाणयता. धार्मीक विधी करपी भटाक तशें केंस कातरतल्या म्हाल्याक वस्त्र, दक्षणा आनी बिदागी दिता.

- सं.

**जिराकाडी : पळयात → किरायतें**

**जिरें :** मराठी : जिरे, हिंदी : झिरा, गुजराती : जीरू, संस्कृत : जीरक, इंग्लीश : क्यूमिन, लॅटीन : क्युमिनम सायमियम

वर्सयभर उरपी एक वखदी वनस्पत. हे वनस्पतीची उंचाय सुमार 30 सें.मी. आसता. तिचे ताळयेचेर, बरींच वेगळायल्लीं, एका फाटल्यान एक अशीं नाचूक पानां येतात. ह्या रूखाक चंवरा भशेन तुऱ्याचेर (एकसंघ तुरो) ल्हान, धवीं वा गुलाबी फुलां येतात. जिऱ्याचें फळ पालिभेदी (schizocorph), जायतीं बिजमयबद्ध, तोंक आशिल्लें, ल्हान आनी सुकें आसता आनी ताचे दोन

लांबशे भाग (0.6 सें.मी.) जातात. दरेका फळाचेर 9 उब्यो शिरो आनी खांची आसतात. ताचे भितर एक बी आसता. हीं फळां मात्शीं कोडवासार आनी वासाळ आसतात. तांचे खाचींत तेलाची नळी आसता आनी तातूंतल्यान 2.4 टक्के उडून वचपी आनी 10 टक्के उडून न वचपी तेल आसता.

जिऱ्याच्या पिका खातीर मध्यम हवामान, पिकाळ आनी गाळाची जमीन आनी भरपूर सारें लागता. पिकाची वाड जाता आसतना ताका वत, हवेंतली ओलसाण आनी पावस सहन जायना. शिंया तेंपावेलें पीक ऑक्टोबर म्हयन्याच्या शेवटाक पेरतात आनी उबाळांतलें पीक एप्रील म्हयन्याच्या निमाणें पेरतात. ह्या पिकार भुरी रोग पडटा आनी ताचे खातीर पानां काळीं पडटात. अशा वेळार झाडाचेर गंधकाचो पिठो मारतात.

वासाळ द्रव्यांत जिऱ्याचो उपेग करतात. जिरें मसाल्यांत आनी रांदपाच्या पदार्थांत तेचपरी खावपाच्या पदर्थांतूय वापरतात. (देखीक : सार, वरण, लोणचें, चिवडो, केक आदी). जिऱ्याचें तेल काडटात. तेल काडून जातकच उरिल्लो चोथो गोरवांक खावपाक दितात. जिरें उत्तेजक, आकड्यांचें आकुंचन करपी, रगत शुद्ध करपी, जिवाक थंडसाण दिवपी, भूक वाडोवपी, दूद वाडोवपी (Galactagogue) आसता. उबाळाच्या दिसांनी जिवाक थंडसाण मेळपाक जिरें आनी कोथमिरेचें उदक पिवपाक दितात. आंगाच्या खंयच्याय अवयवाक सूज आयल्यार जिरें वांटून ताचो लेप लायतात. मुतपाक त्रास जावप, पोटांत किसकिसप ह्या विकारांचेर जिरें खावपाक दितात.

**काळें जिरे :** मराठी : काळे जिरें, हिंदी : काला जिरा, गुजराती : कलोंजी, कन्नड : कारिजिरिगे, संस्कृत : कृष्णजीरक, इंग्लीश : ब्लॅक क्युमीन, लॅटीन : नायगेला सॅटिव्हा

जिऱ्याची एक जात. सुमार 45 सें.मी. उंचाय. चड करून शेतांत तणाभशेन वाडिल्लीं दिश्टी पडटात. हे वनस्पतीचीं पानां दोन वा तीन फावटीं, पिसां भशेन पूण कांय प्रमाणांत वेगळायिल्लीं आसतात. तांचे खंड रेशाकृती आसतात. फुलां द्विलिंगी, लेव निळीं आनी लांब देंठाचेर एक एक करून येतात. तांकां छदमंडल (involucre) नासता. भायलीं पांच परिदलां पाकळ्यां सारकीं आनी भितल्लीं आठ मधुप्रपिंडयुक्त (honey gland) आसतात. केसरदलां जायतीं आसतात. आनी पांच ते सात किंजदलां एकठायल्लीं आसतात. किंजपुट उर्ध्वस्थ आनी पांच खण आशिल्लो आसता. फळ बोंडा भशेन तशेंच बियो खूब, काळ्यो आनी त्रिकोणी आसतात.

बियांपसून तेल मेळटा. तातूंत 45-60 टक्के कारव्होन, डी-लिमोनीन आनी सायमीन आसता. बियो चिड्डून काडिल्लें तेल खावपाक वापरतात. बियांत 'निगेलीन' हें कोडू द्रव्य आसता. काळें जिरें पोटांतल्या जोराचेर उपेगी पडटा. बियांचो पिठो तिळेलांत घालून पुळेर आनी कातीच्या रोगांचेर लायतात. कपड्यांत ह्या बियो दवरल्यार किडींपसून कपड्यांक बादा जायना.

**कोडू जिरें :** मराठी : कडू जिरे, हिंदी : काली जिरी, कन्नड : काळा (कोडु) जिरिगा, संस्कृत : वनजीरक, इंग्लीश : पर्पल फ्लीबेन, लॅटीन : व्हर्नोनिया ॲथेल्मिंटिका.

जिऱ्याची एक जात. उंचाय सुमार 60 ते 90 सें.मी. सरळ, घट्ट आनी एक वर्सभर जियोवपी वखदी वनस्पत. तिची पानां भाल्याभशेन एका फाटल्यान एक, सादीं, सादारण कांटेसरी कडो आशिल्लीं आनी दोनूय वटेन केंसाळ आसतात. डिसेंबर ते फेब्रुवारी म्हयन्यांत सुमार चाळीस फुलांचो अर्दवट फुलिल्लो तुरो येता. फळ सुकिल्लें एकबियेचें आनी लांब दाण्याभशेन आसता. हे वनस्पतीच्यो बियो तिखट आसतात. ताचेर 10 उब्यो शिरो आनी केंस आसतात.

जंतुचो नाश करपी आनी रेचक आसून दमो, खेळणी, कातीचे विकार, धवें, आदीचेर उपेगी पडटा. ह्यो बियो

पुश्टीक, भूक वाडोवपी आनी मूत निवळ करपी आसात. भगभग, सूज, उयो मारपाक आनी विंचवाच्या विखाचेर ह्यो बियो उपेगी पडटात.

**- सं. मं.**

**जिलेबी :** एक गोड खाण. चकरेच्या (चकली) आकारा सारखो हाचो गोल आकार आसता आनी चकरेप्रमाणच जिलेबिचो दोरो वाटकुळो कवळून घेता. मैद्याचें पीठ आनी धंय एकठाय धंवळून एक दाटशें मिश्रण तयार करतात. रंग येवपाक तातूंत हळदुवो वा



तांबडो खावपाचो रंग भरशिता. हें मिश्रण, तळाक बुराक आशिल्ल्या आयदनांत वा कपड्यांत घेवन, बुराकांतल्यान, मिश्रणाची धार, चुलीर तापत आशिल्ले साखरे-मेलाचे कायलींत सोडटा. ही धार सोडटांना घुंवडावन सोडटा आशिल्ल्यान जिलेबीक वाटकुळो आकार येता. मैद्याची धार साखरे मेलांत भाजून काडटांना, धारेवरवीं जाल्ल्या बारीक नळये सारक्या जिलेबिच्या आंगांत साखरेचें मेल भरून रावता आनी नळी भायल्यान भितरल्यान भाजून टणक जाता.

लग्न-मुजी सारखिल्ल्या सुवाळ्याचे जेवणावळींत, हिंदु लोकांमदीं जिलेबिचो पदार्थ आसता.

**- सं. मं.**

**जुवारी न्हंय :** गोंयची एक मुखेल न्हंय. गोंय राज्यांतल्या दक्षिण भागांतल्यान व्हांवपी हे न्हंयक 'अधनाशिनी' ह्या पोरन्या नांवानूय वळखतात.

हे न्हंयचो उगम सांगे म्हालांत, सह्याद्रीच्या मुळसांत जावन सांगे म्हालांतल्या साळावली न्हंयचो फांटो तिका उजवे वटेन येवन मेळटा. व्हड दोंगुल्ल्यांनी आनी रानखणींतल्यान वेगवेगळे उंचायेर व्हांवत ती अस्तंते वटेन घुंवता. सांगे गांवालागसारच्यान ती मुखार वचून सावड्डें आनी कुडचडें ह्या दोन जोडशारां मदल्यान व्हांवता. सावड्डें शार हुपल्या उपरांत ती फुडें व्हांवता आनी हांगा सावन हे न्हंयचो दलदलीचो वाठार सुरू जाता. फुडें केपें-पाड्डें गांवांतल्यान आयिल्ली कुशावती न्हंय आनी सांतानाची न्हंय तिका मेळून तिची रूंदसाण वाडटा. उपरांत हे न्हंयचो एक फांटो मडकय - कुंभारजुवेंच्यान वचून माशेलांत मांडवी न्हयेच्या फांट्याक मेळटा. अशे तरेन दोनूय न्हंयाचो संगम जाता. कुठ्ठाळी काडल्या उपरांत तिचे उत्तरेक बांबोळी आनी काबोची तर दक्षिणेक दाबोळी - मुरगांव आनी कुठ्ठाळेची पठारां आसात. उत्तरेक सांगे, फोंडे आनी तिसवाडी जाल्यार दक्षिणेक केपें, साश्ट आनी मुरगांव ह्या



जुंवारी न्हंयेवयलो रेल्वे पूल

न्हालांक वेगळे करून ती मुरगांव हांगा अरबी दर्याक मेळटा. अरबी दर्याक मेळटा आसतना तिचें पात्र रूंदावल्ले आसा. तशेंच ह्या जाग्यार तिका मांडवी न्हंय येवन मेळटा. आपल्या उगमासावन अरबी दर्याक मेळसर ती 34 किमी. व्हांवता. जुंवारी न्हंय अरबी दर्याक मेळटा आसतना कांय ल्हान सान जुंवेय नदरेक दिसतात. दाबोळी पठाराचे उदेंतेक सेंट जॉर्ज जुंवो तर मुरगांव पठाराचे नैऋतेक सेंट जॉर्ज, कंबारी आनी पिंगेचो जुंवो उक्त्या दर्यांत आसा.

जुंवारी न्हंयेचो बरोच व्हड वाठार व्हडीं आनी बार्जीतल्यान उदका येरादारी करपा खातीर आनी खास करून खणमालाची हाड-व्हर करपा खातीर मेळटा. हिच्या तोंडार नामनेचें मुरगांव बंदर वसलां. हें बंदर सैमीक आसून ताका आंतरराष्ट्रीय म्हत्व आसा.

जुंवारी न्हंयच्या पुराय वाठारांत नुस्त्याची पिकावळ व्हड प्रमाणांत जाता. हे न्हंयेच्या दोगूय देगा वयले नुस्तें मारपी लोक चडशें नुस्तेमारीच्या धंद्याचेर जियेतात. हे न्हंयेचो उगमा कडलो भाग साव्या उदकाचो भाग आशिल्ल्यान ताचे देगेक जो गाळ पडटा ताचे वरवीं रेंव तयार जाता. ती रेंव घर बांदपा खातीर वा हेर बांदावळी खातीर वापरतात. ह्या वाठारातले कितलेशेच लोक रेंव काडपाचो वेवसाय करतात.

आदले मुस्तींत जुंवारी न्हंयचो उपेग प्रवासी येरादारी खातीर जातालो. सांवड्डें ते पणजी, वळवय मार्गांतल्यान लोकांक हाड-व्हड करपी वाफोर (लाँच सेवा) चलतालो. बार्जीचें आगमन जावचे पयलीं खणमालाची येरादारी शिडाच्या व्हड्यांनी जाताली. तण, रेंव, माती, शिंपयो हांची येरादारी ल्हान ल्हान व्हड्यांनी आदलेवरी आयजूय जाता.

आपल्या उगमा सावन अरबी दर्याक मेळ मेरेन जुंवारी न्हंयेचेर चार म्हत्वाचे पूल आसात. हातूंतलो आगशी - कुठ्ठाळेचो पूल सगळ्यांत व्हड आसून ताणें दक्षिण आनी उत्तर गोंय एकामेकांक जोडल्यांत. दुसरो पूल बोरयें गांवांत आसून ताणें साश्ट आनी फोंडें म्हाल एकामेकांक जोडल्यात. तिसरो पूल सावड्डें शारांत आसून तेवरवीं फोंडे, सांगे, केपें म्हाल एकठांय आयल्यात. चवथो पूल सांगे म्हालांत सांगे गांवात आसा. आगशी, कुठ्ठाळी आनी धडे-सांवड्डें अशे हे न्हंयेचेर दोन रेल्वे पूल आसात.

**- सं. मं.**

**जुंवेचो किल्लो :** जुंवें गांवचो इतिहासीक म्हत्व आशिल्लो किल्लो. हो किल्लो पुर्तुगेज विजरई सां. व्हिसेंती हाणें 1668 वर्साक बादिल्लो हो किल्लो, सेंट इश्तेव्हांव नांवाच्या जुंव्यार एका ल्हानशा दोंगुर्ल्लेच्या माथ्यार आसा. किल्ल्या मंदीं उबे रावल्या उपरांत किल्ल्याचे उत्तर दिके कडेन नदर भोंवडायल्यार मांडवी न्हंयचें पुराय पात्र नदरेक पडटा. तशेंच ताचे पयल्यान दिवचलचो पुराय परिसर नदरेक पडटा. जाल्यार दक्षिण दिके कडलो कुंभारजुवें, माशेलचो परिसर आनी पुर्वेक फोंडा म्हालांतलो बेतकी खांडोळेंचो परिसर नदरेक पडटा. किल्ल्यार वचपा खातीर फातरा पसून केल्ली पांयवाट आसा. किल्ल्यांत भितर आशिल्ल्यो कांय तटबंदी थोडेभोव तशोच उरल्यात. चडशो ना जाल्यात. एक धाकटो घुमूट आशिल्ली वास्तूय थंय आसा. दाराच्या कमानीचेर पुर्तुगीज भाशेंतलो एक शिलालेख अस्तित्वांत आशिल्लो वाचूंक मेळटा. त्या शिलालेखांत अशें म्हळां, सवो दा आफॉसु राज्य करतालो तेन्ना ताचो विजरई कोंदी द. सा. व्हिसेंती हाणें हो किल्लो पुर्वेकडलो धर्मदूत सेंट फ्रांसिस झेवियर हाच्या स्मरणार्थ ताका अर्पण केला. 8 सप्टेंबर 1668 त हो किल्लो पुर्तुगीजांनी बांदपाचे कारण म्हळ्यार छत्रपती शिवाजी महाराजाचो पुर्तुगीजांक दिसपी धोको. 1667 वर्सा शिवाजी म्हाराजाची बारदेश स्वारी आनी उपरांत दिवचल, नार्वे, सप्तकोटेश्वराच्या जिर्णोद्धाराच्या काळांत शिवाजी म्हाराजान लिपचोरयां लोकांक धाडून पुर्तुगिजांक धांवडावचें येवजिल्लें. पूण ह्यो गुपीत खबरो पुर्तुगिजांक कळून आयल्या उपरांत पुर्तुगीज शिटकावले तेन्ना जुवें गांवच्यान दुस्मान सुकते वेळार सहजतायेन धावजीच्या

वटेन पोरण्या गोंयांत (ओल्ड गोवा) येत म्हणून विजरईन हो किल्लो बांदलो. ह्या जुंव्याक पुर्तुगिजानी सेंट इस्तेव्ह हें नांव दिलें.

24 नोव्हेंबर 1683 वर्सा संभाजी महाराजान जुंवें किल्ल्यार अचकीत घुरी घालून जुंवेंचो किल्लो जिकलो. हो किल्लो आपल्या ताब्यांत करून घेवपा खातीर पुर्तुगीजांचो बरोच प्रयत्न चलिल्लो. पुर्तुगीज सैन्यांतल्या निग्रो सैनिकांच्या आदारान पुर्तुगीजान मराठ्यांचो बरोच प्रतिकार केलो. लिपचोरयां पळून वचपी पुर्तुगिजांचो फाटलाव करत संभाजीराजा धावजीर आशिल्ले न्हंयचे देगे मेरेन पावलो. ह्या दिसा पुर्तुगिजांनी सगळे बांध (मानशी) मोडून उडयल्ले, तातूंत दनपारच्या वेळार भरतीचे उदक उपाट भरिल्लें. लडायेंत येस मेळोवपा खातीर संभाजी राजान उपाट भरिल्ल्या न्हंयेंत घोड्या सयत उडी घेतली. घोडो बुडूंक लागिल्लो तेन्ना संभाजी म्हाराजाचो विस्वासू साथीदार खंडो बल्लाळ हाणें जिवाची पर्वा करिनासतना संभाजी राजाक घोड्या सयत उदकांतल्यान ओडून काडलो. पुर्तुगीज गव्हर्नर पोरण्या गोंयांत जखमी जावन पळून गेल्या उपरांत, सेंट झेवियरची सांबाळून दवरिल्ली कूड भायर काडून ताच्या हातांत आपलो राजदंड दिवन पुर्तुगिजांचे राज्य वाडोवपा खातीर प्रार्थना करपाक लागलो. दक्षिणे कडेन मुसलमानांनी मराठ्यांचेर केल्ले लश्करी कारवायेक तोंड दिवप चड गरजेचें जाल्ल्यान, मराठ्यांनी पुर्तुगिजा आड सुरू केल्ली कारवाय स्थगीत दवरली.

**- सं. मं.**

**जूय** : मराठी : जुई, संस्कृत : युथिका, हिंदी : जुही, कन्नड : कदरमाळ्ळिगे, लॅटीन : जॅस्मिनम ऑरिक्युलेटस

एक फूल - वाल. ही वाल झोपांनी जाता. तिचीं पानां सादीं आनी एकामेकां सामकार आसतात. पूण कांय वेळा हीं पानां त्रिदळी (trifoliate) आसतात आनी ताचे कुशीचीं पानां सामकीं ल्हान वा कानाचे पाळये सारकी



(कर्णिकाकृती) आसतात. ताचो फुलाचो तुरो (inflorescence) एकसंघ आसता आनी ल्हान ल्हान धवीं मंद वासाचीं फुलां जातात. ताची पुश्पमुकुट नलिका 1.2 सें.मी. लांब आसता. दरेके पाकळेचो वेगवेगळो भाग लांबसर वाटुकळ्या आकाराचो आनी 0.6 से.मी. लांब आसता. ताका वट्ट पांच संदलां (sepals) आसतात. फुलांक 5 ते8 पाकळ्यो आसतात आनी फूल दिवले भशेन आसता. फुलाक दोन केसरदलां (stamens) आसतात. दोन किंजदळांच्या (carpels) उर्ध्वस्थ (superior) किजपुटांत दोन कुडी आसतात. ताका वाटकुळें काळें द्विखंडी (biciliate) आनी मोव फळ जाता. तातूंत दोन वा चार बियो आसतात.

ह्या झाडाक उदक सांठून उरना तसली आनी मध्यम प्रकाराची भूंय लागता. शिंया तेंपार भूंय खणून ती सारकी करून सारें घालून आळीं तयार करून दवरतात. नोव्हेंबर जानेवारीच्या सुमाराक 3 मी. अंतर दवरून जुयेचे वालीचे कुडके लायतात. फुडें पावसाळ्यांत म्हळ्यार जुलय ते ऑगस्टाच्या सुमाराक ह्या झाडांक फुलां येवंक लागतात. जशी जशी वाल वाडटा, तशी माटव घालून तिका माटवाचेर चडयतात. ह्या झाडाक केन्ना केन्नाय 'मेलिओला जॅस्मिनीकोला' हो रोग जाता. ताचेर उपाय म्हूण बोर्दोमिश्रण मारतात.

वासाचे तेल काडपा खातीर ह्या फुलांचो उपेग करतात. तेचपरी केसांत माळपाक आनी देवाक अर्पण

रपाक ही वासाळ फुलां वापरतात. जायेच्या फुला परस येचीं फुलां बारीक आसतात.

- **सं. मं.**

**जेजू ख्रीस्त: पळयात→ ख्रिस्त येसू**

**जेजुची सभा :** किरिस्तांव धर्मांतल्या एका पंथाची सभा (संस्था). 'जेजुची मा' नांवान फामाद जाल्ले संस्थेक इनास लोयोला नी ताच्या 7 वांगड्यांनी पारीस शाराच्या भायर सच्या मोंतमार्त गांवांतल्या एका कपेलांत 15 गोस्त 1534 वर्सा बुन्याद घाली. उपरांत ताचे बरोबर नीक दोग जण मेळ्ळे. ते पारीस विश्वविद्यालयांत एम. शिकप करताले. इनासाच्या 9 वांगड्यां मदीं फ्रान्सिस वियेर सयत आसलो. आपल्या जिवितांत दुर्बळकाय, श्कळपण आनी विधेयपण ह्यो तीन आंगोवण्यो ताणीं ल्यो. 1537 वर्सा आपले संस्थेक पापसायबाची न्यताय मेळोवन घेवंक ते रोम शाराक गेले. 27 सप्टेंबर 540 वर्सा पापसायब पावलु तिसऱ्यान जेजुचे सभेक धिकृत मान्यताय दिली. इनास लोयोलाक संस्थेचो लो श्रेश्ट वडील म्हणून वांगड्यांनी वेंचून काडलो. नासाच्या काळार जेज्वित खूब शिकप आशिल्ले मनीस सले. ही परंपरा आजून चालू आसा.

जेजुचे सभेच्या वांगड्यांक 'जेज्वीत' म्हणतात. ज्वितांची आध्यात्मिकता तीन प्रस्नांनी आटापलली सा. अ) हांवें क्रिस्ता खातीर कितें केला? आ) हांव स्ता खातीर कितें करतां? इ) हांव क्रिस्ता खातीर कितें रतलों? सुरवातेक जेज्वितांच्या वावराची मोख तीन कारांची आसली. 1) येवरोपांत शिकप दिवंक ताणीं ळा आनी कॉलेजी उगडल्यो. 2) क्रिस्तांव लोकांक नी हेर लोकां मदीं धार्मीक वावर. 3) प्रोटेस्टंटांचो भाव उणो करूंक वावर.

जेजुची सभा येवरोपांत आनी हेर कडेन पसरूंक गली. जेज्वितांच्या शाळांक, कॉलेजींक लागून, ताणीं बरयल्ल्यां पाठ्यपुस्तकांक लागून आनी शिक्षणांतले तांचे जाणवायेक लागून, सोळा ते अठराव्या शेंकड्यांनी येवरोपांत जेज्वितांक 'शिक्षण जाणकार' म्हण वळखताले.

भारतांत येवपी पयलो जेज्वीत फ्रान्सिस शावियेर. ताका आतां सां फ्रान्सिस शावियेर वा गोंयचो सायब ह्या नांवान लोक वळखतात. तो 6 मे 1542 वर्सा गोंया आयलो. ताच्या फाटल्यान जायते जेज्वीत उदेंते कडल्या देसांनी काम करूंक पयले गोंयां (आतांचें पोरणें गोंय) येताले. गोंयांत सुरू केल्ली सां पावलु कॉलेज जेज्वितांक दिली. थंयसर ताणीं शिक्षणाचो वावर सुरू केलो. हांगासर क्रिस्तांव जाल्ल्या भुरग्यांक, दादल्यांक, चलयांक आनी बायलांक मुळावें शिकप मेळटालें. भारतांत दादल्यांक तशें बायलांक आधुनीक शिक्षण दिवपाची सुरवात जेज्वितांनी गोंयांत सुरू केली. 6 सप्टेंबर 1556 वर्सा भारताचो पयलो छापखानो जेज्वितांनी सां. पावलु कॉलेजींत सुरू केलो. त्या छापखान्यांत 13 पुस्तकां छापलीं. सतराव्या शेंकड्याचे सुरवातेक तो छापखानो रायतुरो व्हेलो आनी थंयसर 21 पुस्तकां छापलीं. सां पावलु कॉलेजीक लागून गोंयांत जेज्वितांक 'पावलिस्त' हें नांव पडलें.

गोंयचे उदेंते तिसवाडींत आनी साश्टींत धर्म प्रसार करचें काम पुर्तुगेज सरकारान जेज्वितांक दिलें. साश्टींत जेज्वितांनी 24 आनी तिसवाडींत 15 इगर्जोबांदल्यो. 1759त राजकीय कारणांक लागून पुर्तुगेज वसणुकांतल्यान जेज्वितांक भायर घाले. मार्किस पोंबालान जेज्वितांक पोर्तुगालाक व्हेले आनी बंदखणींत दवरले. 21 जुलाय 1773 वर्सा पापसायब क्लेमेंत चोवदाव्यान जेजुची सभा रद्द केली. ह्या वेळार 23,000 जेज्वित आसले. पूण रशियेंत पापसायबाचो हुकूम थंयचे केथरीन राणयेन पाळ्ळो ना. हाका लागून थंयसर जेजुचे सभेच्या 200 वांगड्यांचो वावर चालु उरलो. 7 ऑगस्ट 1814 वर्सा पापसायब पियुस सातव्यान जेजुची सभा पुनस्थापीत करूंक परवानगी

दिली. हाका लागून जेजुची सभा परत संवसारभर पातळली. 1837 वर्सा फ्रेंच जेज्वितांनी तमिळ नाडुच्या मदुरे वाठारांत वावर करूंक सुरवात केली. उपरांत जेज्वित संस्था भारताच्या हेर वाठारांनी पसरल्यो.

जेज्वितांचें प्रशिक्षण आनी तांचो वावर बरे भाशेन जांवचे खातीर जेजुचे सभेची वांटणी प्रांतांनी (Provinces) केल्या. फा. आदोल्फ निकोलस जेजुचे सभेचो आतांचो श्रेश्ट वडील. जेज्वितांचें मुखेल कार्यालय रोम शारांत आसा. 1 जानेर 2008 वेर आख्ख्या संवसारभर 18,815 जेज्वित 124 देसांनी आसात. ह्या 124 देसांचे 10 खंड केल्यात आनी ह्या खंडांनी जेज्वितांचे 85 प्रांत, 5 स्वतंत्र उपप्रांत आनी 12 अवलंबी प्रांत आसात. भारतांत जेज्वितांचे 18 प्रांत आनी एक अवलंबी प्रांत आसा. भारतांत नेपालांत आनी श्रीलंकेंत 4,018 जेज्वित शिकतात वा वावर करतात.

**जेज्वितांचें आतांचें प्रशिक्षण :** उणें म्हणल्यार 12 वी पास जाल्ल्या कॅथोलीक चल्यांक जेजुचे सभेंत प्रवेस घेवं येता. हाचे खातीर तांणी आपखोशयेन अर्ज करचो पडटा. उमेदवारांची खोलायेन तपासणी जातकच वेंचून काडिल्ल्यांक 2 वर्सा जेज्वीत सभेचें मुळावें शिकप करूंक धाडतात. ह्या शिकपाक 'नोविशियेट' म्हणटात. ह्या काळार उमेदवार, जेज्वितांची आध्यात्मिकता, कायदे, इतिहास, परंपरा, बायबलाचें मुळावें गिन्यान, ध्यान, मागणें करूंक शिकतात. पयलें वर्स सोंपचे आदीं उमेदवार एका म्हयन्याचें ध्यान करतात. आनी मार्गदर्शन घेतात. तांच्या फुडल्या जिविताक प्रेरणा आनी खोलाय मेळचे खातीर तांकां दुसऱ्या वावराचो अणभव घेवंक संदी दितात. हें शिकप जातकच वेंचून काडिल्ल्या उमेदवारांक वयर उल्लेख केल्ल्यो तीन आंगोवण्यो करूंक परवानगी मेळटा.

उपरांत 1 वर्स ज्युनियरेट शिकप आसता. ह्या शिकपा वेळार जेज्वीत विद्यार्थी भासो, साहित्य, कला, इतिहास, संस्कृती, रंगमाची, बायबल इत्यादी विशयांचेर अभ्यास करतात. हें शिक्षण करताना आनी निमाण्यो आंगोवण्य करता मेरेन तांकां म्हयन्याक एक फावट अर्द्या दिसाचे ध्यान आसता आनी वर्साक आठ दिसांचें ध्यान आसता दर एका जेज्वित विद्यार्थ्यान आत्मीक मार्गदर्शन घेवंक एका जेज्वित पाद्री लागीं वचचें पडटा.

ज्युनियरेट जातच, जांकां कॉलेजीची पदवी ना तांक कॉलेजीचें शिकप करूंक धाडटात. जांणीं कॉलेज शिक सोंपयलां तांकां 2-3 वर्सां तत्वशास्त्र शिकूंक आसता. शिक्षण करताना तांकां मुळावें सामाजविज्ञान, मनोविज्ञा शिकयतात. अस्तमतेचें तशेंच उदेंतेचें तत्वशास्त्र खोलायेन शिकतात. हें शिकप जातच 2-3 वर्सां जेज्वि कामांचो अणभव घेवंक धाडटात. ह्या काळाक रिजेन्सि म्हणटात. जर जेज्वित विद्यार्थी योग्य म्हण दिसल जाल्यार ताका 4 वर्सा देवशास्त्र (theology) करूंव वेंचतात. हांगा बायबल, कॅथोलिकांचो इतिहास, हे मुखेल धर्म हांचो खोलायेन अभ्यास आसता.

हें शिकप जातच गुरूदिक्षे खातीर विद्यार्थ्यांक अ करचो पडटा. मुखेल आडखळ नासल्यार तांक बिस्पसायब गुरूदिक्षा संस्कार दिता. हो संस्का घेतिल्ल्यांक जेज्वित पाद्री म्हणटात. कांय जेज्वि गुरूदिक्षा घेनांत. तांकां 'भाय' (brother) म्हणटात गुरूदिक्षा जातच विश्वविद्यालयाचें उंचेलें शिकप करूंव कांय जाणांक वेंचतात. उरिल्ल्यांक जेज्वित संस्थांन वावर करूंक धाडटात. गुरूदिक्षा मेळून 5-8 वर्सांनि जेज्वितांचें निमाणें अधिकृत प्रशिक्षण 6-9 म्हयन्यांचे आसता. ताका 'टर्शियनशिप' म्हणटात. ह्या शिक्षण वेळार जेज्वित आध्यात्मिकता तांचो इतिहास, जेजु सभेची घटना आनी सांत इनासाची बरपावळ हाचे खोलायेन अभ्यास करचो पडटा. ते भायर एका म्हयन्याचे ध्यान करूंक आसता. हें शिकप जातकच 2-4 वर्सांनि जेज्वित निमाण्यो आंगोवण्यो करतात. ह्यो आंगोवण्य करतकच जेज्वित विद्यार्थी जेजूचे सभेचे अधिकृत आन पूर्ण वांगडी जातात. हांचे मदीं 4 आंगोवणो केल्ल्यांव 'प्रोफेस्ट फादर्स' म्हणटात. आनी तीन आंगोवण्य

कल्ल्यांक 'स्पिरिच्युअल कोएज्युटर' म्हणटात. नेमाण्यो आंगोवण्यो जातकच सयत दर एका जेज्वितान वर्सांक एक फावट 7-8 दिसांचें ध्यान करूंक वचचें पडटा आनी निरंतर शिकप (on going formation) करूंक आसता.

**जेज्वित सांत आनी भागेवंत** (saints and blessed) :

रोमन कॅथोलीक धर्म सभेंत कांय महान मनशांक तांच्या मरणा उपरांत सांत वा भागेवंत ही मानाची पदवी देतात. जेज्वित सभेंत 183 सांत आनी भागेवंत आसात. तांचे मदीं इनास लोयोला, फ्रान्सिस शावियेर, जुआंव बर्कमन्स, लुवीस गोन्जागा, स्तानिस्लाव्स कोस्का हे प्रमुख. विसाव्या शेंकड्यांत सत्ता आनी निती खातीर वावुरताना तिनश्यां परस चड जेज्वितांक आपलो जीव दिंवचो पडलो.

**जेज्वितांचे पवित्र जागे :**

स्पेन, रोम, जपान, भारत, न्युयॉर्क, चिली, कॅनडा, फ्रान्स ह्या देसांनी जेज्वितांचे पवित्र जागे आसात. भारतांत तमीळ नाडुच्या ओरियुर गांवांत सांत जुआंव ब्रीत हाका जिवेशीं मारलो. तशेंच गोंयांत कुंकळे चार जेज्वितांक आपलो जीव दिंवचो पडलो. पोरण्या गोंयां बों जेजुचे बाजिलिकेंत सांत फ्रान्सिस शावियेराची रेलीक आसा. हे जागे जेज्वितांक खाशेले आसात.

**जेज्वित संस्था :** 2007 वर्सा परमाणें संवसारभर जेज्वितांच्यो 3730 शिक्षण संस्था आसात. हातूंत मुळाव्यो शाळा ते विश्वविद्यालय (university) आनी तांत्रीक शिक्षण संस्थांचो आसपाव जाता. ह्या संस्थांनी सुमार 250 लाख विद्यार्थी शिकतात. जगभर 549 संस्थांनी जेज्वित सामाजीक उदरगत आनी लोकाच्या हक्का खातीर वावर करतात. 30 प्रकाशन संस्था, 199 नेमाळीं, 66 आकाशवाणी केंद्रां आनी 27 टिवी केंद्रा जेज्वित चलयतात. 2000 फिरगजांनी (Parishes) आनी 279 आध्यात्मीक केंद्रांनी जेज्वित वावुरतात. 50 परस चड देसांनी निराश्रितां (Refugees) खातीर जेज्वित काम करतात.

हाचे भायर पाद्रिपणाचें प्रशिक्षण दिवपी संस्थांनी (seminaries) : सल्लागार केंद्रांनी (counseling centres ), पर्यावरण राखप, कामगार संघटना इत्यादी मळांनी जेज्वित सेवा दितात.

1750 वर्सा संवसारभर आशिल्ल्या 130 खगोल केंद्रां पैकीं 30 केंद्रां जेज्वितांचीं आसलीं. विज्ञान मळार चड करून खगोलविज्ञानांत जेज्वितांनी केल्ल्या अमोलीक वावरा खातीर 40 परस चड जेज्वित विज्ञानिकांचीं नांवां चंद्रार आसच्या फोंडांक दिल्यांत. संवसारभर आसच्या 8 मुखेल न्हंयां पैकीं 5 न्हयांचें मूळ जेज्वितांनी सोदून काडलां. जेरार्ड होपकिन्स (1844 - 1889) ह्या जेज्वित कवीन इंग्लीश साहित्यांत नांव जोडलां. सोद वावर, गणीत, संगीत, वास्तुविज्ञान, समाजविज्ञान, भुगोलविज्ञान, खगोलविज्ञान, कला इत्यादी मळांनी जेज्वितांनी वावर केला. जेज्वितांनी हात घालूंक नासलें एकूय मळ ना. काळा आनी गरजे प्रमाण वावर करप हें जेज्वितांचें खाशेलेपण.

रोमांत पापसायबा खातीर जेज्वित वेटिकन रेडियो, वेटिकन ओबजर्वेटरी, ग्रेगोरियन विश्वविद्यालय, पोंटिफिकल बिबलिकल इन्स्टिट्युट, पोंटिफिकल ओरियंटल इन्स्टिट्युट ह्यो नांवाजत्यो संस्था चलयतात.

गांवची भास, कला, संस्कृती हांचो अभ्यास आनी राखण करपाची परंपरा जेज्वितांची हेच परंपरेक धरून गोंयात सोळाव्या सतराव्या शेंकड्यांनी टॉमास स्टीवन्स, दियोगो रिबेर, मिंगेल आल्मेदा, इनास आर्कामोने, आंतोनियो साल्दाज, जुआंव द पेद्रोजा, एतिन द क्रुवा, कारेल प्रिक्रिल, लियोनार्द सिनामु, तियोतोन जुजे आनी सिमांव गोमिश ह्या जेज्वितांनी कोंकणी आनी मराठी भासांचो अभ्यास करून पुस्तकां, व्याकरणां, कोश बरयले. जेजुची सभा रद्द जातकच हांची बरपावळ

येवरोपाक पावली आनी थंयसर तुलनात्मक भासविज्ञानाचे वाडावळीक तेंको मेळ्ळो. एकोणिसाच्या शेकड्यांत मंगळुरांत इटालियन जेज्वित फा. आजेलो माफेयन कोंकणी व्याकरण आनी कोश बरयले. फुडें कोंकणीचो वावर कर्नाटकांत स्वामी सुप्रिया पै, टॉमास लोब, सिल्वेस्तर मोंतेर, हर्बट नोरोज्ञ, वोल्टर आल्बुकेर्क, प्रशांत माडता आनी हेर जेज्वितांनी तशेंच गोंयांत आंतोन पेरेर, मोरेन द सोज, वास्कु द रेग हाणीं केलो. आनी आतां टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र गोंयांत जेज्वितांची कोंकणीची परंपरा फुडें व्हरता.

**भारतांत वावर केल्ले कांय प्रमुख जेज्वित :**

भास आनी साहित्य मळार कामिल बुल्के, बेनेदीत ओस्ता, राफायल शाह (हिंदी), ख्रिश्चन मिग्रो (बंगाळी), कार्लोस वालेस, इसुदास कुयेली (गुजराती), रिचर्ड द स्मेत, फ्रान्सिस द सा, जां आर्नेस्त हान्सलेडन, रोबर्ट झिमेरमन, रोबर्ट आन्तवान, आदोल्फ एस्तेलर, सेबेस्तियन केरी, नोयेल शेट, आनंद अमलदास (संस्कृत), हेन्रिके हेन्रिलकेस, रोबर्ट द नोबिली, लुइस नोयेल, आंताव प्रोयेन्सा आनी कोंस्तानीन बेस्की (तमिळ), जोर्ज मास्कत, जोन पानेपिंत (संताली), जोन होफमन (मुंडारी), क्रिस्तोफर शेल्के आनी करिदाद द्रागो (मराठी). वनस्पतिशास्त्रांत सेसिल साल्दाज्ञ, लियो द सोज, के. एम. मेथ्यू, सांतापाव, वैजुकी मळार आगुस्तुस मुल्हर, लुर्दु एडनापळ्ळी, चित्रकलेंत एन्थनी मोशेनी, इतिहास मळार हेन्रि हेरास, जोन कोरेय आफोंस, जोजेफ वेलिंकार हांणीं वावर केला. भारताचें संविधान बरोवंच्या वावरांत फा. जेरोम डिसौजाचो वांटो आसा. यु. एन. ओ. हे संस्थेंत भारताचो प्रतिनिधी म्हणून ताणें वावर केला. हेर मळांनी संवसारभर जेज्वितांनी केल्ल्या तोलामोलाच्या वावराची वळेरी खूब लांब.

**भारतांतल्यो जेज्वितांच्यो मुखेल कॉलेजी :**

सेंट झेवियर, मुंबय, सेंट झेवियर, कोलकोत्ता, सेंट झेवियर, अहमदाबाद, सेंट झेवियर, पालयमकोटाय तमिळनाडू, सेंट झेवियर, रांची, लोयोला, चेन्नाय, सेंट जोजेफ, तिरूचिरापळ्ळी, लोयोला, तिरूवनंतपूर अरूळ आनंदर, करूमतूर, तमिळनाडू, सेंट एलोसियस मंगळूर, सेंट जोजेफ, बेंगळूर , XLRI जमशेदपूर, XIM भुवनेश्वर, सेंट जोजेफ दार्जिलिंग, लोयोला अकादेमी सेकुंदरबाद, आध्र लोयोला, विजयवाड ह्यो भारतांतल्यो मुखेल कॉलेजी. हांचे भायर भारतांत जेज्वितांच्यो नांवाजत्यो शाळा आसात.

**जेज्वित गोंय प्रांत :**

जेज्वित गोंय प्रांतांत आख्खें गोंय, महाराष्ट्राचे सिधुदुर्ग, रत्नागिरी, दक्षीण कोल्हापूर जिल्ले,आनी कर्नाटकाचो बेळगांव जिल्ल्याचो आसपाव जाता. गोंय प्रांतांत 127 जेज्वित आसात. गोंय प्रांतांचें मुखेल कार्यालय पणजे आसा. दो. एन्थनी द सिल्वा आतांचे प्रांतीक वडील. टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र-आल्त परवरी, झेवियर सेंटर ऑव हिस्टोरिकल रिसर्च-आल्त पर्वरी, पेद्रू अरूपे इन्स्टिट्यूट-राया, सेंट ब्रिट हायस्कूल-म्हापशें, लोयोला हायस्कूल-मडगांव, सेंट पोल हायस्कूल-बेळगांव, सेंट पॉल कम्युनिटी कॉलेज-बेळगांव, झेवियर कम्युनिटी कॉलेज-खानापूर, रोजरी हायस्कूल-आजरा, रोजरी हायस्कूल- सावंतवाडी, जन जागरण-बेळगांव ह्यो गोंय प्रांताच्यो कांय मुखेल संस्था.

विविधतायेंत एकवट हें तत्व आपणावन जात, कात धर्म, वाठार, भास, संस्कृती, लिंग हाचो फरक करिनासतना जेज्वित आपले पद्दतीन लोकाची तळमळीन सेवा करतात. 'देवाचे व्हड मोहिमेक' हें तत्व आपले वावर करूंक जेज्वितांक प्रेरणा दिता.

**- डॉ. प्रताप नायक, जे. स**

**जैन : पळयात → समाज (कोंकणी)**

**जोग धबधबो : पळयात → गिरसप्पा धबधबो**

**जोत (काव्य प्रकार) : पळयात→ शिगमो**

**जोंधळो :** (मराठी : जोंधळा, हिंदी : जवार, गुजराती : जुवार, कन्नड : जोळा, तमिळ :चोलम, तेलगू :जोन्ना, संस्कृत : दिर्गमाला, इंग्लीश : ग्रेन मिलेट, लॅटीन : सोर्धम व्हल्गेर, कूळ : ग्रॅमिनी)

एक धान्य वनस्पत. हे वनस्पतिची उंचाय 3 ते 4 मी. उंचायेची आसता. ताच्या कांडाची दाटसाण 1.5 सें.मी. आसता. जोंधळ्याच्या झाडाक फांटे येनात, पूण रोंप मोडून जमनीर पडल्यार कोंबा कडल्यान फांटो येवंक शकता. ह्या झाडाक लांब पानां आसतात आनी तांचेर समांतर शिरो आसतात. कांडार पानां गुठलायिल्लेवरी आसतात आनी एकामेकां सामकार उरफाटे दिकेन आसतात.

जोंधळ्याची फुलां एका तुऱ्याचेर धरिल्लीं आसतात. तुऱ्याच्या देंठार फुलांची मांडावळ जोडयेन आसता. तातुंतल्या एक फुलाक देंठ आसता आनी एका फुलाक नासता. देंठ नाशिल्ल्या फुलापसून बीं तयार जाता. जोंधळयाचें बीं वाटकुळें आसून सकयले वटेन ताका तोंक आसता. ताचो कोर जोंधळ्याचे जाती प्रमाण धवो, गुलाबी, हळडुवो वा पुडीकोराचो आसता.



जोंधळ्याचीं कणसां

फुलांच्या तुऱ्या वयल्यान ह्या पिकाच्यो बायकलर, गिनीया, कावडेटम काफीर आनी डूरा अशो जाती आसतात. खूब वर्सांपसून चलत आयिल्ल्या 'सोर्घम व्हल्गेर' ह्या नांवाचें आतां, 'सोघर्म बायकलर' हें नांव जालां.

**प्रकार, जाती :** संवसारांत जोंधळ्याचो वट्ट 15 जाती पळोवंक मेळटात. पूण भारतांत जोंधळ्याच्यो फकत दोन जातींचो वापर जाता. एक गांवठी जोंधळो आनी दुसरो संकरीत जोंधळो. गांवठी जोंधळ्याचें रोंप लांब आसता आनी तें कमी उत्पादन दिता. पूण संकरीत जोंधळो मोटवो आसता आनी उत्पन्न बरें येता. जोंधळ्याचो मुखेल संकरीत जाती म्हळ्यार सी. एच. एस. 1, 2, 3, 4, 5, 6, 9 आनी सी. एस. व्ही. 1, 2, 3, 4, 5, 6, 7.

संवसारांत जोंधळ्या खाला आशिल्ल्या वाठारांत भारताचो पयलो क्रमांक लागता. कोंकणांत जोंधळ्याचे उत्पादन चड प्रमाणांत जाता.

**उपेग :** जोंधळ्याचें पीठ करून ताचे पसून भाकरी वा चपाती करतात. मक्या सारको फुलोवन ताचेपसून ल्हायो करतात. हालींसरां जोंधळ्यापसून बिस्कीट, केक सारके तरेकवार जिन्नस तयार करतात. गोरवां, कुकडां, दुकरां हे सारके मोनजातीचे खावडी खातीर जोंधळ्याचो बेसबरो उपेग जाता. तेभायर जोंधळ्याचीं पानां आनी कांडां हांचो वापर मोनजातीची मुखेल खावड म्हूण जाता.

जोंधळ्यापसून उद्देगीक नदरेन उपेगी पडपी आल्कोल, पेपर, स्टार्च अशे तरेकवार पदार्थ तयार करतात.

**- सं. मं.**

**जॉर्ज, इव्हाग्रियु फ्रांसिश्कु :** (जल्म : 6 मार्च 1925 करमणें - साश्टी गोंय, मरण : 20ऑगस्ट 1978, पणजी-गोंय)

गोंयचो सुटके झुजारी. लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन ताणें शिक्षण घेतलें. 'गोमंतक प्रजामंडळ' हे संस्थे खातीर



ताणें तळमळीन वावर केलो. डॉ. ज्युलियांव मिनेझीस हाणें उजवाडायिल्ल्या 'गोमंतक' आनी 'उ येराल्दु' ह्या दिसाळ्यां खातीर तो बरोवप करतालो. 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचो तो संस्थापक वांगडी आसलो. हे संघटनेच्या 18 ऑगस्ट 1946 ह्या दिसा लोंढा वाठारांत जाल्ले पयले बसकेंत ताका सरचिटणीस म्हूण वेंचून काडिल्लो.

7 नोव्हेंबर 1946 ह्या दिसा कुंकळे हांगा, ताका पुलिसांनी सत्याग्रह करता आसतना धरलो. तेन्ना बरोच मार दिवन ताका 45 दिस बंदखणींत दवरलो. बंदखणींतल्यान सुटतकच नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या बेळगांव आनी कानपूर शारांत आशिल्ल्या कार्यालयांच्या सत्याग्रही शिबिराचो ताका मुखेली नेमलो.

15 ऑगस्ट 1947 दिसा, फोंड्या वाठारांत सरकारा आड निदर्शनां करत म्हूण ताका पुलिसांनी राजाराम प्रियोळकार आनी गोपीनाथ लोटलीकार हांचे वांगडा धरलो. तशेंच ताच्या घराचेर धाड घालून घरांत आशिल्लें सगळें राष्ट्रवादी साहित्य जप्त केलें.

इव्हाग्रियु एक पत्रकार आशिल्ल्यान पुर्तुगिजां आड तो लेख आनी पत्रकां उजवाडायतालो. म्हूण पुर्तुगिज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) 22 मार्च 1948 दिसा ताका 5 वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तशेंच 15 वर्सां खातीर ताचे राजकी हक्क काडून घेतले.

इव्हाग्रियु हाची सुटका जातकच मुंबय डॉ. टी. बी. कुन्य हाणें सुरू करून उजवाडाक हाडिल्ल्या 'आझाद गोंय' ह्या नेमाळ्या खातीर ताणें जायतो वावर केलो. 1955 वर्सा तो आकाशवाणीचेर कोंकणी आनी पुर्तुगीज भाशेंत विदेशी वितरावणेच्या विभागांत काम करूंक लागलो. 1970 वर्सा ताणें आकाशवाणी वयले नोकरेक सोडचीट दिली. उपरांत तो गोंयांतल्या 'उजवाड' ह्या रोमी लिपींतल्या कोंकणी दिसाळ्याचें संपादन करूंक लागलो.

1942-61 काळांत ताणें सुटके चळवळीचेर 16 पुस्तिका आनी जायतीं पत्रकां उजवाडाक हाडिल्लीं. 1972 वर्सा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन भोवमान केलो. तशेंच 18 जून 1984 ह्या दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**जोशी, ईश्वरलाल मंचाराम :** (जल्म : 7 फेब्रुवारी 1930, भीमपूर - दमण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमीक शिक्षण मराठींतल्यान आनी माध्यमीक शिक्षण गुजरातींतल्यान घेतलें. तो 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस' संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. 1953 वर्सा तो दमण वाठारांतल्या शेतकामत्याचे संस्थेचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयलो. 1 ऑगस्ट 1954 ते 3 फेब्रुवारी 1962 मेरेन ताणें 'आझाद

मंतक दल' संघटनेचे दमण शाखेचो अध्यक्ष म्हूण वर केलो. कत्तलखाने बंद जावचे म्हूण ताणें आवाज डलो. ताका पुलिसांनी बरेंच खेपो अटक करून दर पेक एक ते आठ दीस बंदखणींत दवरलो. सत्याग्रहांनी टो घेवप, बसका घेवन सरकाराआड झुजपाक लोकांक र्त दिवप, भारतीय अधिकाऱ्यांक गोंय, दमण आनी व हांगाचे नकाशे धाडप, लश्करी म्हत्वाच्या जाग्यांचीं त्रां काडप असलीं कामां तो करतालो. तेभायर हेर ीत गजालीं विशीं खबरो पावोवपाचेंय काम तो रतालो.

दादरा आनी नगर हवेलीचे सुटके झुजांत वांटो तिल्ल्याच्या आरोपा खाला 1 ऑगस्ट 1954 दिसा लिसांनी ताका धरलो. 13 नोव्हेंबर 1954 दिसा ताका तो अटक केलो आनी साडेबारा वर्सां बंदखणीची यास्त भोगतकच ताची आग्वाद बंदखणींतल्यान सुटका ली. बंदखणींत ताका बरेच खर त्रास सोंसचे पडले. का लागून ताच्या उजव्या हाताचो आंगठो तुटलो. 15 ॉगस्ट 1972 दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन चो भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**शी, कालिदास रविशंकर :** (जल्म : 15 जून 1936, भीमपूर - मण).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें प्राथमीक शिक्षण जरातींतल्यान घेतलें. 'खुरासाई डुंगा' वाठारांत ताणें रंगी बावटो लायिल्लो. पुर्तगिजांचो संपर्क तोडपाक णें रस्ते खणून आडखळ हाडिल्ल्यो. 13 नोव्हेंबर 956 दिसा पुलिसांनी ताका धरलो. पुर्तगीज रकाराच्या पणजी शारांत आशिल्ल्या प्रादेशिक लश्करी यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार वकशे उपरांत ताका साडेचार वर्सां बंदखणीची ख्यास्त र्मायली. 17 मे 1959 दिसा ताची बंदखणींतल्यान टका जाली. 15 ऑगस्ट 1972 दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**जोशी, किशोर छोटूभाई :** (जल्म : 29 जुलय 1935, भीमपूर - दमण)

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. गोंय, दमण आनी दीव वाठाराचे शिमेचेर डेप्युटी जनरल आनी स्टेट रिझर्व पुलीस हांच्या मार्गदर्शनाखाला पुर्तुगीज सरकारान दमण वाठारांत नेमिल्लें पुर्तुगीज सैन्य, लश्करी विमानतळ, राजभवन, वीजकेंद्र, लश्करी लोकांक सुटके विशीं म्हत्व कळचे पासत तो तांकां राश्ट्रवादी साहित्य वाटतालो. शीम हुपता आसतना पुर्तुगीज पुलिसांनी ताका धरपाचें जायते यत्न केले. अखेरेक 30 नोव्हेंबर 1956 दिसा पुलिसांनी ताका ताच्याच घरांत धरलो आनी 15 मे 1957 मेरेन ताका दमण बंदखणींत दवरलो. थंय ताका हवा आनी उजवाड हांची फाव ती वेवस्था ना, अशा एकांतवासांत दवरिल्लो. 17 मे 1957 दिसा ताका पणजे बंदखणीत व्हेलो आनी थंयसावन जून 1957 त ताका आग्वाद बंदखणींत दवरलो. उपरांत पणजे शारांत आशिल्ल्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territirial Military Tribunal) मुखार चवकशी करतकच ताका दोन वर्सां आनी आठ म्हयने खर बंदखणीची ख्यास्त दिली. 17 मे 1959 दिसा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. 15 ऑगस्ट 1974 दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. 18 जून 1985 दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

**- सं.मं.**

**जोशी गणपतराव** : (जल्म : 15 ऑगस्ट 1867, राजापूर, महाराष्ट्र, मरण : 7 मार्च 1922, मुंबय).

कोंकणांतलो मराठी रंगमाचये वयलो एक असामान्य नट. 1881 वर्सा ताणे 'शाहूनगरवासी मंडळी' हे स्थापना

केली. नाटक कंपनीची ती मराठी रंगमाचये वयली गद्यभाशेतली अग्रगण्य संस्था म्हूण नांवां रूपाक आयली. 'झुंझारराव', 'चंद्रसेन', 'मानाजीराव', 'प्रतापराव', 'भिमराव' ह्यां ताच्या भुमिकां वरवी ताका खूब लोकप्रियता मेळ्ळी. सुरेल आनी ओजस्वी आवाजाक लागून लोकांचेर ताची मोहिनी पडत गेली. इंग्रज लेगीत ताच्या आवाजाची तोखणाय करताले.

उपरांत ताका नायिकेची भुमिका करपी बाळभाऊ जोग हाचो सांगात मेळ्ळो. वा. बा. केळकर आनी गो. ब. देवल हांचें मार्गदर्शन ताका मेळ्ळें.

**- सं. मं.**

**जोशी, जगन्नाथराव अनंत :** (जल्म : 1919, नरगुंद, धारवाड - कर्नाटक).

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलें. 1949 वर्सा सभा बंदीचो कायदो मोडिल्ल्या आरोपाखाला पुलिसांनी ताका धरलो आनी साडेचार वर्सां बंदखणींत दवरलो. 1954 वर्सां जनसंघाचो तो सरचिटणीस आशिल्लो. 1954 वर्सा सावन ताणें गोंय विमोचन सहाय्यक समिती कडेन संबंद जोडलो. तेन्नाच ताणें सत्याग्रहांत वांटा घेवपाचें थारायल्लें. ताणें सुटके झुजारी राजाराम रामचंद्र पाटील हाचे वांगडा पुण्यात 120 सत्याग्रहींचो पंगड एकठांय केलो. हो पंगड घेवन तो सावंतवाडी आयलो. थंय ह्या पंगडाचे ताणें ल्हान ल्हान विभाग केले. ताणें स्वता 25 सत्याग्रहींचो पंगड घेवन 25 जून 1955 दिसा बांदे शीम हुपून गोंयांत सत्याग्रह केलो. त्याच दिसा पुलिसांनी ताका हेर सत्याग्रहीं वांगडा पेडणेंतल्या न्हंयबाग वाठारांत धरलो आनी आग्वाद बंदखणींत दवरलो. 3 ऑगस्ट 1955 दिसा पुर्तुगीज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया (Territorial Military Tribunal) मुखार ताची चवकशी सुरू केली. 21 ऑक्टोबर 1955 दिसा न्यायाधिशान ताका धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेभायर दिसाक पंचवीस इस्कूद ह्या प्रमाण दोन वर्सां दंड भरूंक लायलो. 2 फेब्रुवारी 1957 वर्सा जेन्ना सगळ्या कैद्यांक सूट मेळ्ळी, तेन्ना ताचीय बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत जनसंघांत रावन तो राजकी वावर करूंक लागलो. जनसंघाचो तो मुखेल फुडारी आशिल्लो.

धारवाड मतदार संघातले लोकसभा वेंचणुकेंतल्यान तो दोन वेळा खासदार म्हूण वेंचून आयलो. 18 जून 1985 दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**जोशी नारायण मल्हार :** (जल्म : 5 जून 1879, गोरेगांव, कुलाबा जिल्लो, महाराष्ट्र, मरण : 30 मे 1955 मुंबय)

कोंकणांतलो एक सामाजीक कार्यकर्तो आनी भारताचे कामगार चळवळीचो प्रणेतो. ताचो जल्म कोंकणांत संस्कृत अध्यापनाची परंपरा आशिल्ल्या मध्यमवर्गीय घराण्यांत जालो. बापूय वेदशास्त्रसंपन्न आनी प्रसिद्द ज्योतिशी आसलो. ताका लागून ताचें सुरवातीचें शिक्षण आनी वेद पाठांतर घराच जालें. उपरांत ताणे पुण्याच्या न्यू इंग्लीश स्कूलांतल्यान मॅट्रिक केली आनी डेक्कन कॉलेजींतल्यान बी. ए. ची पदवी घेतली.

शिक्षण घेतल्या उपरांत ताणें अहमदनगर, पुणे, रत्नागिरी आनी मुंबय हांगां सुमार 16 वर्सां शिक्षकाचें काम केलें. समाजसेवा करपाच्या ध्येयान ताणे आपलो शिक्षकी पेशा सोडून गोपाळ गणेश कृष्ण गोखले हाच्या भारत सेवक समाजाचो तो वांगडी जालो. 'ज्ञानप्रकाश' हें वर्तमानपत्र भारत सेवक समाजावतीन येतालें. गोखलेन ह्या वर्तमानपत्राची जबाबदारी ताचेर सोपयली. ह्या पत्राची मुंबयंतल्यान एक आवृत्ती येताली. ताचें काम पळोवपाक तो मुंबयत गेलो आनी निमणे मेरेन ताचें तेंच कार्यक्षेत्र जालें.

गुजरात, उत्तरप्रदेश, महाराष्ट्रांतल्या दुकळ पिडितां खातीर ताणे निधी एकठांय करपाच्या कामाक चालना

ली. कामगारां खातीर प्रशिक्षण वर्ग सुरू केले. 31 ऑक्टोबर 1920 ह्या दिसा ताणे अखिल भारतीय ट्रेड नियन काँग्रेस (इंटक) ह्या भारतांतल्या पयल्या कामगार घटनेची मुंबय हांगा स्थापना केली. कामगारां खातीर ल्याण केंद्रां, रातीशाळा, वैजकी केंद्रां, वाचनालयां शें वेगवेगळे उपक्रम ताणें चलयले. फुडे कामगार ळवळ हेंच ताचें जिवितांतलें काम जालें. कामगारांचे स्न समाजाक कळपाक आनी सर्वसामान्य मनशाक ामगारांविशीं सहानुभूती निर्माण जावचे खातीर ताणें कामगार समाचार' हें वर्तमानपत्र सुरू केलें आनी आपूण चें संपादकाचें काम पळोवपाक लागलो. कालांतरान ःकांत फुट पडिल्ल्या कारणान ताणें 'नॅशनल ट्रेड नियन' हे स्वतंत्र कामगार संघटनेची स्थापना केली.

अमेरिकेंत जाल्ल्या संयुक्त संस्थानांत शिंग्टनांतल्या पयल्या आंतरराष्ट्रीय कामगार संघटनेच्या धिवेशनाक तो भारतांतलो प्रतिनिधी म्हूण ब्रिटिश ासना वतीन उपस्थित रावलो. (1919). ते भायर लंडांत जाल्ल्या तीन गोलमेज परिशदांनी (1931, 932 आनी 1933) कामगार म्हूण आनी संयुक्त संसद मितींतलो भारताचो शासकीय प्रतिनिधी म्हूण तो स्थित रावलो.

तो मुंबय महापालिकेंत सदस्य आशिल्लो. तशेंच दल्या काळांत कायदोमंडळाचो वागडी आशिल्लो. ाधानसभेचो पिता' असो ताचो उल्लेख करताले. ताणे ामगारांच्या हिताचे खूब कायदे सरकारा कडल्यान मंजूर रून घेतले. 1948 त ताणें कामगार चळवळींतल्यान वृत्ती घेतली. उपरांत कांय वर्सां शिक्षणीक, सामाजीक ार्यांनी आपलें लक्ष घातलें. ताच्या जल्माच्या अमृत होत्सवाक तेन्नाचे मजूरमंत्री व्ही. व्ही. गिरी हाच्या तान ताचो सत्कार केलो.

- सं. मं.

**शी, महादेवशास्त्री (पंडित) :** (जल्म : 12 जानेवारी 1906, आंबेडे सत्तरी, गोंय, मरण : 12 डिसेंबर 1992, पुणे)

'भारतीय संस्कृतीकोशा'चो संपादक आनी उत्कृश्ट मराठी लेखक. धोतर (पुडवें),सदरो (खोमीस) ताचेर जाकीट, धवी तोपी, वक्ल असो ताचो भेस, मुखामळ तेजिश्ट, मायेस्त, सभाव, चारपांच वरां एकाद्या विशयाचेर उलयल्यार लेगीत ताचे उलोवप आयकुप्यांक आयकन दिसतालें. कसल्याय विशयाचेर एकादो दुबाव आसल्यार विचारतकच ताचे कडेन त्या प्रस्नाची जाप तयार आसताली. ताणें शाळेंत शिक्षण घेतलें ना, पूण पारंपारीक पद्तीन आंबेडे, धावे आनी सांगली सारक्या सुवातींनी वचून संस्कृत, काव्यशास्त्र आनी ज्योतिष ह्या विशयांचें शिक्षण घेतलें. उपरांत 1926 वर्सा 'सत्तरी शिक्षण संस्था' सत्तरींत स्थापन केली आनी शिक्षणाचो प्रसार तो करूंक लागलो. उपरांत 1935 वर्सा तो पुणे हांगा गेलो आनी थंय पुराण, प्रवचनां करपाक लागलो. 1938 वर्सा सावन ताणे भक्तिज्ञान आनी वैराग्य ह्या विशया संबंदीचें 'चैतन्य' ह्या नियकालिकांत संपादक म्हूण काम केले. 'राज्यांचे बंड' ही तांची पयली कथा उजवाडाक आयल्या उपरांत ताच्या कथालेखनाक एक वेगळेंच मोड आयलें. 1941 वर्सा 'वेलविस्तार' हो कथासंग्रह आनी 1957 वर्सा मेरेन वट्ट 10 कथासंग्रह प्रकाशित जाले. खडकातले पाझर, विराणी, भावबळ, प्रतिमा, पुत्रवती, कन्यादान, कल्पित आनी सत्य' हे ताचे कथासंग्रह लोकप्रिय जाले. ताच्या जायत्या कथांचे विशय आनी चित्रण गोंयचें आसा. कारवार हांगा भरिल्ल्या सातव्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनांत 'भोवबळ' ह्या कथासंग्रहाक सुवर्ण पदक मेळ्ळें. ताच्या कथांचेर आदारीत 'मानिनी', 'गरिबा घरची लेक'. 'थांब लक्ष्मी कुंकू लावते', 'धर्मकन्या', 'अरे संसार संसार', हे चित्रपट बरेच गाजले. सोपी, सरळ आनी संवेदनशील भावनात्मक भाशाशैली आनी आकर्शक निवेदनशैली हे गूण ताच्या लेखनांतल्यान दिसून येतात. तांचो जिविता कडेन पळोवपाचो प्रसन्न दृष्टिकोन दिसून येता. भारतीय भासांचो अभ्यास करून तशेंच भारतीय संस्कृती

विशयांच्या ग्रंथाचें वाचन करून ताणें 'भारतीय संस्कृती कोश' (10 खंड) तयार करपाचें तोखणायेचें काम केले. 'मुलांचा संस्कृति कोश (खंड 1 ते 4) ताणें संपादन केलो.

संस्कृतीकोश निर्माण करपाची प्रेरणा ताका भारताचे पयले प्रधानमंत्री पंडित जवाहरलाल नेहरू हाचे कडल्यान मेळ्ळी. संस्कृती कोशाचें काम ताणें सुमार 25 वर्सां अखंडीतपणान, कमी पगाराचेर पुराय केलें.

भारतांतल्यो वेगवेगळ्यो सुवाती, तीर्थस्थानां, लोककथा आनी कर्तबगार व्यक्ती हांचेर ताणें स्वतंत्र ग्रंथ बरयल्यात. पुणे हांगा भरिल्ल्या चवथ्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाच्या सोळाव्या अधिवेशनाचो अध्यक्ष म्हणून तो वेंचून आयिल्लो. 1910 वर्सा पुणे विद्यापीठा वतीन सन्माननीय डी.लीट ही पदवी दिवन ताका सन्मानीत केलो. ताका खुबशे मान-सन्मान मेळ्ळ्यात. पुराय भारताची भोंवडी करून ताणे भारतदर्शन विशयाचेर आपले अणभव मांडल्यात. तेभायर ताणें वेगवेगळ्या विशयांचेर लेखन केलां.

तांच्या वागपांत संयम आनी नमळकाय आसली. राग व्यक्त करपाची पद्दत म्हणजे मौनवृत्त धारण करप. वादविवादाचे भानगडीत पडून वेळ वगडावचे परस लेखन करीत रावप अशा सभावाचे एक दिग्गज अष्टपैलू अशें ते तेजस्वी व्यक्तिमत्व आसलें.

**- सं. मं.**

**जोशी, शिवराम दत्तात्रेय :** (जल्म : 15 ऑगस्ट 1926, रत्नागिरी).

कोंकणातलो एक नामनेचो व्याकरणकार. ल्हानपणातच तो पुण्याक गेल्लो. व्याकरणांत विद्वान आशिल्ल्यान पिरायेच्या 19 वर्साचेर 'व्याकरणाचार्य' ही सगळ्यांत व्हडली पदवी ताका दिली. जोशी, पूना संस्कृत कॉलेजींत संस्कृत हो विशय घेवन तो शिकोवंक लागलो. एक्कान एक व्याकरण ताका खबर आशिल्ल्यान पुस्तकाची गरज ताका लागच नासली.

मुखार डॉ. इंगाल्स हाचे सांगणे वेल्यान जोश
1955 वर्सा पुणे विद्यापीठाची बी. ए. पदवी अ
हार्व्हर्ड विद्यापीठाची पीएच. डी, कौंडभट्ट
धात्वर्थनिर्णय' ह्या विशयांत घेतली.

आर्थिक बाजू बरी नाशिल्ल्यान ताका माधुकरी वृत्त
रावचें पडटालें. ल्हान पिरायेंतच विद्यार्थी तशेंच शिक्ष
ताचे कडेन शिकपाक लागले. हार्व्हर्डचो प्रोफेसर
इंगाल्स पुण्याक व्याकरणाच्या अध्ययना खातीर आय
तेन्ना जोशी कडल्यान ताणे शिकून घेतलें.

जोशी हांणे डेक्कन कॉलेज, पुणे हांगा संस्कृत-इंग्ल
महाशब्दकोशांत काम केलें. 1964 त पुणे विद्यापी
प्रगत संस्कृत अध्ययन केंद्रांत तो व्याख्यातो जाल
1970 त तो विभागाचो मुखेली जालो. 1987 ते 19
च्या काळांत डेक्कन कॉलेजींतल्या संस्कृत इंग्ल
शब्दकोशाचो मुखेल संपादक जालो. 'अष्टाध्यायी'
इंग्लीश अणकार करपाच्या कामांत तो सहभागी आसा.

कितल्याश्याच विद्यापीठांनी व्याकरणाविशीं ता
व्याख्यांना जाल्यांत. अखिल भारतीय प्राच्यवि
परिषदेचो जोशी मुखेल सचिव आसलो. तशेंच साहि
अकादेमीच्या संस्कृत शाखेतलो तो एक वांगडी आसल

1991 वर्सा ताचो राष्ट्रीय संस्कृत पंडित म
भोवमान जाला.

**- सं.**

**जोशी, सुधाबाय महादेव :** (जल्म : 14 जानेवारी, 191
प्रियोळ-फोंडें, गोंय, मरण - पुणे).

गोंयची सुटके झुजारी. घोवाचे नांव पं
महादेवशास्त्री जोशी.

सुधाबाई, 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेची वां
आसली. 1955 वर्सा ती हे संघटनेची अध्यक्षा म
वेंचून आयली. 6 एप्रिल 1955 दिसा 'नॅशनल काँ
गोंय' संघटनेचें म्हापशां वाठारांत सत्याग्रही अधिवे
आयोजित केल्लें. तेन्ना ह्या अधिवेशनांत वांटो घेव

ासत सुधाबाई सुटके झुजारी अंबिकाबाई बांदेकार हिचे ांगडा लिपचोरयां शीम हुपून सांखळे मार्गान म्हापशां गायिल्ली. जेन्ना अधिवेशनाक सुरवात जाली तेन्ना र्तुगीज सैनिकांनी हेर सत्याग्रहीं वांगडा तिका धरून ोच मार दिल्लो.

पुर्तुगीज सरकाराच्या प्रादेशिक लश्करी न्यायालया ्खार चवकशे उपरांत 10 वर्सा तिका बंदखणीची ख्यास्त फर्मायल्ली. ते भायर दंड भरूंक लावन वा दंड रपाचे बदला आनी दोन वर्सा बंदखणीची ख्यास्त ल्ली. सुधाबाईक धरिल्ल्यान सगळ्यां देशभर बोवाळ ाल्लो. तिणें 4 वर्सां मडगांव आनी केपेंच्या बंदखणींत ख्यास्त भोगली. 16 मे 1959 वर्सा बंदखणींतल्यान चेची सुटका जाली.

1974 वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तिचो ोवमान केल्लो. 18 जून 1982 दिसा गोंय सरकारान ुटके झुजांतल्या तिच्या वावराचो भोवमान केल्लो. शेंच सुधाबायचो, 'लोकमान्य टिळक प्रतिष्ठान ुरस्कार' दिवनय भोवमान केल्लो.

- **सं. मं.**

**ांज** : ताल राखपा खातीर वापरपाचें एक घनवाद्य. गोंय, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांतल्या कांय ाठारांत ह्या वाद्याक झांज ह्या नांवांन पाचारतात. हिन्दी देशांत ह्या वाद्याक करताल आनी मंजीरा आनी दक्षिणेत ंजम् अशीं नावां आसात. झांजीक दोन दालीं आसता.

तांबें, लोखण आनी हेर धातूंच्या भरसणेतल्यान तयार ल्ल्या पितूळ आनी कांशें ह्या दोन मिश्रधातूंची झांज रतात. ह्या मिश्रधातूंचो सुमार 2 ते 3 मीलीमीटर ाटायेचो पत्रो 5 ते 10 सेंटीमीटर व्यासाचो गोलाकार ापून मध्यभागाचेर सुमार एक सेंटीमीटर खोलाय रतात. थंयच्या मध्यावेल्यान दोरी घालपा खातीर ल्हान ुराक दवरतात. तातूतल्यान दोरी घालून दोनूय तोंकाचेर ांठी मारून दोन दालीं बांदतात. कांय वेळा दोनय दालीं ्केच दोरयेन बांदीनासताना, दोनय दाल्यांच्यो दोरयो



**मुठीची झांज**

सुट्यो दवरता, आनी दोरयेच्या भायल्या तोंकाक लांकडाची मूठ बांदता. अशी मूठ वाजयतल्याची झांजीवयली पकड घट करता. ते भायर दोनय सुटीं दालीं वापरपाक मेकळीं उरता. ती दोनूय हातांत धरून एकमेकाचेर आघात करून वाजयतात. वाजयतलो दोनूय दालीं दाबून, कांठार मारून, घासून वेगवेगळ्या तरेन्चो नाद काडटा. ह्या वाद्याच्या बनावटींत पितूळ ना जाल्यार कांशें फावो त्या प्रमाणात दवरून ताचें नादमाधुर्य सांबाळटात. कीर्तनकार झांजीचो मुखेलपणान वापर करतात. आपल्या गायनात ताल राखपाचें काम आनी सत्र दाखोवपाचें काम झांजीच्या आदारान, किर्तनकार, हरदास, कथाकार, देवरनाम सादर करपी करतात. गोंयच्या देवळांनी किर्तनी (हरदास) आसतात. ते झांजीच्या तालाचेर किर्तनां गायनां सयत सांगतात. गोंयच्या काल्यांतलो हरदास वा सूत्रधार मुखेलपणान झांज वापरता. ताचे फाटल्यान उबे राविल्ले ताचे सांगाती झांजीचेर ताल धरून काल्यांतल्या नमन, श्लोक, ओवी, साकी, दिंडी, धुमाळी ह्या गायनप्रकारांक उठाव दितात. देवळांतल्या महाआरतीच्या वेळार झांजीच्या तालार तरेकवार दैवतांच्यो आरती गायतात. असल्या सामूहिक गायना खातीर झांजींची संख्या चड आसता. राजस्थानातल्या तेरातालाी नाचांत पायांत आनी आंगार वेवगेगळ्या जाग्यार झांजी बांदून कलात्मक पद्धतीन



दोरये झांज

हावभाव करीत त्यो वाजयतात. देवीचें व्रत मनोवपा खातीर असो नाच करतात.

उत्तर भारतांतल्या झांज वा मंजिरा आनी दक्षिण भारतांतल्या कंजम हांचो व्यास 7 ते 8 सेंटीमीटर आसता. 15 ते 30 सेंटीमीटर व्यासाच्यो व्हड झांजी कांय वाठारांत आसतात. तांकां ब्रह्मताल वा बृहत्ताल अशीं नांवां आसात. आसामांत तांकां बोडो (बडा) ताल अशें म्हणटात. उत्तर भारतांत तांकां झल्लरी नाजाल्यार झल्लकी आनी दक्षिणे कडेन जालर तेचप्रमाण तामिळनाडूंत चल्लिकै अशीं नांवां आसात.

**- डॉ. पांडुरंग रा. फळदेसाय**

**पुरक नोंद : 1) कासाळें 2) टाळ**

**झाडो घालप :** एक ग्रामीण उपचार पद्दत. मोनजात, जीवाणीं आनी हेर विखारी जीव चाबतकच वीख बादा जाता ती निवळपाक झाडो घालपाची पद्दत गावगिऱ्या वाठारांनी खूब आदींसावन चलता. निगड, लिंबू, उसकी, गोळ सारकील्या खंयच्याय एका झाडाच्यो पानां आशिल्ल्यो खांदयो घेता आनी जंय विख बाधा जाल्या ताचेर आनी संबंद आंगभर त्यो फिरयतात. अशें करतना झाडो घालपी मनीस तोंडातल्यान मंत्र म्हणटा. ह्या उपचाराक झाडो घाल म्हणटात. कांय झाडो घालपी लोक झाडो घालतक पाळां मुळांचें वखदय पोटांत घेवपाक दितात. झा घालपा खातीर थारावीक अशी फी नासता. खुबदां आपलें सामाजीक कार्य अशें समजून झाडो घाल फुकटच करता. झाडो घालपाची सिद्धी आपणाक प्रा जाल्या आनी आपणे आपल्या गुरू कडल्यान घेतल अशी झाडो घालप्याची धारणा आसता. म्हणून वख दिता त्या पाळां मुळांचीं नांवां आनी म्हणपी मंत्र गुरूच आज्ञे बगर सांगप ना असो संकेत आसा.

विख बाधे वांगडाच हेर आजारांचेरय झाड्या उपचार पद्दतीचो वापर करतात. कसल्याच संपर्का जाल्ल्यां कातिच्या पिडांचेर झाडो घालतात.

कांय कडेन पिशें लागिल्ल्या मनशांक भूत-बाध जाल्या अशें समजप जाता. अश्या मनशांक देवळांत हेर धार्मीक सुवातीनी व्हरून तांचे वयले भूत देवोवपाच विधी करतात. हो विधी करतना भूत देवोवपी मांत्री झाड्याचो वापर करता.

हे उपचार पद्दतींन झाडाच्या पानां मुळांचो वापर जा आशिल्ल्यान आनी झाडाच्या खांदयांनी पिडेक मनशाक झाडटा आशिल्ल्यान हे उपचार पद्दतीक झा घालप अशें नांव पडलां आसूं येता. झाडो ह्या उपचा फाटल्यान झाडा मदीं दैवी शक्ती आसता हो विस्वा आनी झाडाचो वखदी गूण ह्या दोन घटकांचो आसपा झाडो हे संकल्पने फाटल्यान आसा. आयज आधुनी वैजकी सुविधा गांवां-गांवांनी उपलब्ध आशिल्ल्या तशेंच लोकांचेर आशिल्लो अंधस्रद्धेचो प्रभाव उण जाल्ल्यान झाडो उपचार पद्दतीचो वापर उणो जाला. तरी कांय जाती-जमातींमदीं झाडो उपचार पद्दत कांय प्रमाणां चालू आसा.

आदल्या काळांत जेन्ना रेबीज जाल्लो (पिसावल्लो सुणो मनशाक घांस मारतालो तेन्ना त्या मनशाक झा घालप सर्रास जातालें. त्या काळांत रेबिजाचेर वैजक उपचार गांवगिऱ्या वाठारांनी उपलब्ध नाशिल्ल्यान लोक

ुखार दुसरो उपाय नासतालो. आयज लेगीत गावांतले ांय लोक वैजकी उपचार करूनय वांगडा झाडो घालप रतात. पूण हें प्रमाण आतां खूब उणें जाला.

- सं.

**सं) झेवियर फ्रांसीस : पळयात → (सं) शेवीयर ांसीस**

**क लेखन यंत्र (टायप रायटर) :** एक सारक्या दिसपी अक्षरांनी, छापिल्ले भशेन रोवपाक येता अशें यंत्र. अशेतरेचीं चडशीं यंत्रां 30 X 35 X 25 सेंमी. ह्या आकारमानाचीं आसतात. हें यंत्र रोवपाच्या मेजाचेर दवरपाक मेळटा. तशेंच बरेंचशें ातबरप ह्या यंत्रान कमी वेळांत टंकलिखीत करपाक ाता आनी त्या मजकुराच्यो 4-6 प्रती एकेच खेपेक ाडपाक येतात. ह्या यंत्राच्या आदारान तकटे, कोश्टकांय ंकलिखीत करूं येतात. जर चड प्रती जाय जाल्यार जकुराचो कातर-कागद (स्टेन्सील) काडपाक येता. ह्या ंत्राचे जायते प्रकार आसात.

**इतिहास आनी विकास :** हॅन्री मिल ह्या अभियंत्यान ्कस्व (पेटंट) घेतिल्लें पयलें टंकलेखन यंत्र 1714त यार केलें. ह्या यंत्राची चड म्हायती मेळना. पूण तें वांडकें ेकडें आनी वापरपाक जड आशिल्लें. ह्या उपरांतच्या ाळांत जर्मनी, फ्रान्स, इटली, ऑस्ट्रिया ह्या देशांनीय ादिम स्वरूपाचीं यंत्रां तयार करपांत आयलीं. ते उपरांत 1829 त डिट्राइट हांगाच्या विल्यम ऑस्टिन बर्ट हाणें टायपोग्राफर' नांवाचें यंत्र तयार केलें. हें यंत्रय वांकडे ेकडेंच आशिल्लें आनी तातूंत शाईचो दाट थर ापरिल्लो. ह्या शाईच्या थराचेर टंक दामून छापताले. 1833 त मार्सेहांगाच्या प्रोजियन हाणें हाताच्या बोटांनी ापरपाचो मुद्राफळो आशिल्लें यंत्र तयार केलें. कागदाची ुंडाळी परत-परत वापरपाक येवपा सारकें यंत्र 1850 त ॉन फेअरबँक हाणें तयार केलें. त्याच वर्सा ऑलिव्हर



एडी हाणें पियानो सारको मुद्राफळो आनी शाईचें फीत आशिल्लें यंत्र तयार केलें. 1868 त क्रिस्टोफर लेथम शोल्झ कार्लोस ग्लिडन आनी सॅम्युएल सूले ह्या अमेरिकन यंत्रज्ञांनी बेगीन टंकलेखन करपाचें यंत्र तयार केलें.

सुरवेचें यंत्र वांकडे तिकडें आशिल्लें. तरीपूण उपरांत तातूंत बऱ्योच सुदारणा करपांत आयल्यो. 1873 त डेन्समोर हाचे वतीन फिलो रेमिंग्टन हाचे कडेन ह्या यंत्राच्या उत्पादनाविशीं करार केलो आनी 1874 त रेमिंग्टन नांवाचें यंत्र बाजारांत आयलें. ह्या यंत्रांत खास अशा कांय घटकांचो पयलेच खेप वापर करपांत आयिल्लो. तो म्हळ्यार 1) वळितलें अंतर सादपीं आनी कागद फुडें व्हरपी रूळ, 2) अक्षर छापल्या उपरांत रूळ जाय तितको फुडें धुकलपी सुटका प्रयुक्ती, 3) दर एका टंक यंत्रांत एका बिंदूचेर आपटतले अशे तरेच्या टंक कुडक्यांची मांडणी, 4) टंक कुडक्यांचें तरफांच्या आनी तारांच्याआदारान चलप आनी 5) मुद्राफळ्या वयल्या अक्षरांच्यो सुवाती, ज्यो आजूनमेरेन तश्योच आसात. ह्या यंत्रांत टंक कुडक्यांचेर एकेच तरेचीं म्हळ्यार व्हडलीं (कॅपीटल) अक्षरां आशिल्लीं आनी सगलो मजकूर ह्या अक्षरांनीच छापताले. पूण ते उपरांत रेमिंग्टन कंपनीन

व्हडलीं आनी ल्हान (कॅपीटल आनी स्मॉल) अक्षरां छापपाची सोय अक्षर-बदल प्रयुक्ती वापरून केली. ह्या प्रकाराचें यंत्र रे कंपनीन रेमिंग्टन - 2 ह्या नांवान 1878 त बाजारांत हाडलें.

बॉस्टन हांगाच्या जे. बी. हॅमंड हाणें तयार केल्लें 'आयडियल' टंकलेखन यंत्र 1884 त बाजारांत आयलें. ह्या यंत्रांतलो मुद्राफळो अर्दवर्तुळाकार आशिल्लो. हातूंत वेगवेगळे प्रकारचे टंक वापरपाची सोय आशिल्ल्यान ताका चड मागणी आशिल्ली.

इ. स. 1900 च्या पयलीं पोर्टेबल (सोंपेपणी खंयूय व्हरपाक येवपा सारकें) टंकलेखन यंत्र तयार करपाचे यत्न सुरू जाले. 1912 त कॉरोना कंपनीन अशा यंत्राची प्रतिकृती तयार केली. हे उपरांत रेमिंग्टन - रँड, स्मिथ - कॉरोना, अंडरवुड - इलियट - फिशर आनी रॉयल ह्या चार कंपन्यांनी पोर्टेबल यंत्रांचें उत्पादन करपाक सुरवात केली. पोर्टेबल यंत्रांत अशें तरेन सुदारणा जायत गेल्यो आनी चडश्यो सगळ्यो कंपन्यो अशीं यंत्रां तयार करपाक लागल्यो.

वेपारी मळाचेर बेगीन टंकलेखन करपी आनी हातान मूळ टंकलिखीत केल्ल्या सारक्यो प्रती तयार करपी यंत्राची चडांत चड गरज पडपाक लागली. स्वयंचलीत पियानोसारकी मूलभूत कार्यपद्दत आशिल्लें 'हूवन' स्वयंचलीत टंकलेखन यंत्र बेगीन टंकलेखना खातीर पयलेच खेप वापरांत आयलें. हें यंत्र जड आशिल्लें आनी कालांतरान ताचो वापर कमी जालो. 1927 त 'ऑटोटायपिस्ट' हें शुल्झ फ्लेअर यंत्र पियानो कंपनीन तयार केलें. हाची सुदारिल्ली आवृत्ती अमेरिकन ऑटोमॅटीक टायपरायटर कंपनीन तयार केली. फ्लेक्झोरायटर नांवाचें स्वयंचलीत यंत्र लश्करा खातीर दुसऱ्या म्हाझुजांत तयार केलें. आतां ताचो हेर मळांचेरय उपेग जाता. 1935 त फ्रँक कार्लसन हाणें बुराक आशिल्ले फिती खातीर निर्वात तत्वाचो उपेग करून 'रोबो टायपर' नांवाचें स्वयंचलीत यंत्र बाजारांत हाडलें. ह्या यंत्राचेर एक मनीस 125 पानां टंकलिखीत करपाक शकतालो.

सदच्या कार्यालयीन कामा खेरीज हेर मळांचेरूय टंकलेखन यंत्राचो आनी ताच्या तत्वाचेर आदारिल्ल्या हेर यंत्रांचो उपेग करतात. गणितीय कामां करपी, हिशोबाचीं कामां करून तीं टंकलिखीत करपी असल्या प्रकारचीं यंत्रां टंकलेखन यंत्राच्या तत्वाचेरय तयार करपांत आयलीं. अशा यंत्राच्या सोदाक लागून टंकलेखन यंत्राची आनी कॉम्प्युटराची सांगड घालप शक्य जालें. 'पेपर टेप पंच अँण्ड रीडर' हें हेच पद्दतीचें एक यंत्र. विजेच्या टंकलेखन तत्वाचेर आदारिल्ल्या टेलेक्स दूरमूद्रक (टेलिप्रिंटर) सारकिल्लीं यंत्रां आयज वापरांत येवपाक लागलीं.

देवनागरी टंकलेखन यंत्रां खरेपणी खंयच्या वर्सा वापरांत आयलीं हें सांगप शक्य जायना. 1932 वर्सा एके जर्मन कंपनीन, पुण्याच्या अनाथ विद्यार्थी गृहाच्या शं. रा. दाते हाचे मागणे वयल्यान एक देवनागरी टंकलेखन यंत्र तयार केल्लें. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत अमेरिकेंतल्या वुडस्टॉक कंपनीन 1948 वर्सा लखनौच्या एका मनशाचे मागणे वयल्यान देवनागरी लिपीतलीं यंत्रां व्हड प्रमाणांत तयार केल्लीं. पूण तांकां मागणी नाशिल्ल्यान तातुंतलीं चडशीं यंत्रां परत रोमन लिपींत रूपांतरीत केलीं. ऑलिंपिया हे कंपनीन 1950-51 च्या अदमासाक कांय देवनागरी यंत्रां बाजारांत हाडलीं. रेमिंग्टन कंपनीनय अशीं यंत्रां तयार करपाक सुरवात केली. गोदरेज कंपनीन 1950-51 च्या अदमासाक कांय देवनागरी यंत्रां बाजारांत हाडलीं. रेमिंग्टन कंपनीनूय अशीं यंत्रां तयार करपाक सुरवात केली. गोदरेज कंपनीन 1962 वर्सा केंद्र सरकार पुरस्कृत देवनागरी टंकलेखन यंत्राची नमुनो आवृत्ती जर्मनींतल्या ऑप्टीमा कंपनीच्या आदारान तयार केली आनी 1968 - 69 वर्सा ताचें व्हड उत्पादन सुरू केलें. तरीपूण ह्या यंत्राक व्हडलीशी मागणी नाशिल्ली. 1975 वर्सा सावन मात केंद्र सरकारान सगळ्या कार्यालयांनी देवनागरी टंकलेखन यंत्र दवरपाची सक्ती केली आनी हाका लागून मागणी वाडली. भारतांत



नीळ, तेलगू, कन्नड, गुजराती, बंगाली, गुरुमुखी ह्या
लपयांतलीं टंकलेखन यंत्रां आसात. चडश्या राज्य
रकारांनी प्रमाणीत मुद्राफळो तयार केल्ल्यान यंत्रांचें
त्पादन करप सोंपें जालां. रसायनशास्त्र, गणित
रकिल्ल्या विशयानी परत परत येवपी कुरवो, घातमूल
रवो, रसायनीक कुरवो हांच्या सकट अशा विशयांतलो
जकूर टंकलिखीत करपाक येवंचो देखून अशीं यंत्रां
यार करपांत आयलीं. सगळे तरेच्या कचेऱ्यांनी
कलेखकाक आनी टंकलेखन यंत्राक सुमारा भायर म्हत्व
ाव जालें. वेळ वाटावंक लागलो.

टंकलेखन यंत्राचे ल्हान-व्हड मेळून जायते भाग
ासतात. यंत्राच्या दर्शनी भागांत कीबोर्ड आसून तातूंत ए
झेड (रोमी टंकलेखन) वा अ ते ज्ञ (देवनागरी
कलेखन) नांवां धारणा केल्ले बटण आसतात. तेभायर
ते 9 आंकडे, पुर्णविराम, स्वल्पविराम, अर्दविराम,
न्नचित्र, उदगार चित्र, अधीक-वजा आनी हेर गणिती
त्रां, कंस तशेंच मात्रा, अनुस्वार, उकार, तोपी
वनागरी टंकलेखन) हे बटण आसतात. बटण आनी
णावेलें अक्षर-आंकडो - चित्र प्रतीत करपी टंक
ायप) हांकां जोडपी एक दांडी आसता. बटण दामलो
ा संबंदीत टंकाचो दाब यंत्राच्या वयल्या भागांत
ाशिल्ल्या रबरी रूळाचेर पडटा. टंक आनी रबरी रूळ
हांचेमदीं रूळाक गुठलायिल्ल्या कागदाचेर टंक आपटतना ताचे दांडयेक शायेचें सुती फीत (रीबन) सांपडटा आशिल्ल्यान कागदाचेर बटणावेलीं अक्षरां उठ्ठात. बटणाच्या माऱ्या कणकणी कागदा सयत रूळ दावे वटेन फुडें फुडें सरकून एक वळ सोंपपाक आसा म्हळ्यार खुणे खातीर घांट वाजता. हाचे उपरांत दावे वटेन रूळ फिरोवपाची एक कळ आसा तिचो वापर करप जाता. टंकाच्या माऱ्या कणकणी रूळ दावे वटेन सरकता देखून अक्षरा फाटल्यान अक्षर एका थरावीक अंतराचेर टंकलिखीत जाता आसलें तरी अक्षर टंकलिखीत जायनासतना रूळ दावे वटेन सरकपा खातीर दर्शनी भागाचे सकयले वटेन खाशेले पट्टेची वेवस्था केल्ली आसा. बटनाच्या जाग्यार ही पट्टी दामली की अक्षर टंकलिखीत जायनासतना रूळ दावे वटेन सरकरता. बटन वा पट्टे भायर रूळ फाटीफुडें हालोवपाची तजवीज रूळाच्या दोनूय तोंकांनी केल्ली आसा. रोमी टंकलेखना वेळार कॅपीटल आनी स्मॉलअक्षरां एकाच बटणा वरवीं टंकलिखीत करपाची खाशेली वेवस्था आसा. ह्या मुखेल भागां वांगडाच कागद सदळ करपाची तरफ, कागद दामूद धरपाची सरी, शाईचें सुती फीत घोळोवपाची कळ, समास निश्चीत करपाचो बटण, रूळ फाटींफुडें घोळोवपाचो बटण अशी साबार वेवस्था टंकलेखन यंत्रांत केल्ली आसा. हे सगळे भाग पत्रो आनी प्लास्टीक हांचेपसून तयार केल्ल्या खोक्यांत वेवस्थीत बसयल्ले आसतात.

विजेचें टंकलेखक यंत्र, हातान चलयतात त्या यंत्राभशेनूच आसता. पूण हातूंत टंक उखलून ताचेवेलें चित्र कागदार छापपाची क्रिया मात विजेचे शक्तीन जाता. ह्या यंत्रांत खंयचीच क्रिया करतलो जाल्यार चित्राचे बटण दामपाक जाय. पूण हे खातीर हेर यंत्रा इतली शक्त लागना. बटण दामलो की कॅम-तरफ खिळये भोंवतणी घुंवता आनी तिचें तोंक विजेच्या मोटरान कायम गतीन घुंवपी रूळाच्या संपर्कांत येता. रूळ आनी तोंक हांच्या घर्शणाक लागून कॅम-तरफ सकयले वटेन घुंवता. ती घुंवता आसतना तिका जोडिलले सरयेक लागून टंकाचें

तोंक वोडटा. टंक तरफ खिळये भोंवतणी घुंवता आनी तिच्या दुसऱ्या तोंकाक आशिल्लें टंकावेलें चित्र कागदाचेर आपटून उठ्ठा. ही क्रिया रोखडीच जावंची म्हणून तरफांनी कांय स्प्रिंगांची तजवीज केल्ली आसता. चित्र आपटलें की कॅमाक लागून तोंका सकट कॅम-तरफ आपल्या मूळ जाग्यार येता. ह्या यंत्राचें खाशेलेंपण म्हळ्यार सगळ्या चित्रांचेर सारको नेट पडिल्ल्यान छापप एकसारकें जाता आनी ह्या यंत्राचेर काम करपी मनशाक चड शक्त खर्च पडची पडना. देखून काम बेगीन जाता.

बेगीन आनी बरें टंकलेखन करपाचे नदरेन खंयच्या बोटान मुद्राफळ्यावेलीं खंयचीं बटणां दामची हाचो अभ्यास करून एक खाशेली पद्दत निश्चीत केल्ली आसा. हे पद्दतीन टंकलेखन करपाची संवय जाली जाल्यार टंकलेखकाक फकत मजकुराचेरच लक्ष दवरून मुद्राफळ्या कडेन पळय नासतना टंकलेखन करप शक्य जातालें. हे पद्दतीक 'स्पर्श' अशें म्हणटात. बऱ्यापैकी काम करपी टंकलेखकाक ही पद्दत आपणावपाची गरज आसता. टंकलेखनाचो वेग वाडोवपाक टंकलेखकान सतत टंकलेखन करचें पडटालें.

1930 वर्सा मेरेन टंकलेखन यंत्रां भारतांत आयात करताले. ते उपरांत परदेशांतल्यान यंत्राचे सुटे भाग मागोवन यंत्रां तयार करपाक लागले. 1950 वर्सा उपरांत गोंदरेज कंपनीन यंत्रां तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. 1954-55 त खंयच्याय दुसऱ्या देशाचो आदार घेनासतना भारतीय तंत्रज्ञांनी तयार केल्लें टंकलेखन यंत्र बाजारांत आयलें. गोदरेज कंपनीच्या भारतीय उत्पादनाक लागून आनी सरकाराच्या आयात धोरणाक लागून शेवटाक रेमिंग्टन आनी हाल्डा ह्या कंपन्यांकय भारतांतच टंकलेखन यंत्रां व्हड प्रमाणाचेर तयार करचीं पडलीं. 1974 उपरांत आनीक चार कारखान्यांक टंकलेखन यंत्रां तयार करपाची परवानगी मेळ्ळी. मुंबय, कलकत्ता, दिल्ली आनी चेन्नई हांगा टंकलेखन यंत्राचे कारखाने सुरू जाले. भारताची एका काळांतली वर्साची गरज 90,000 यंत्रांची आसली. भारतांत रोमन, देवनागरी आनी हेर भारतीय लिप्यांतलीं टंकलेखन यंत्रां आयात करपा बंदी आसली. फकत निर्यातदार कंपन्यांक आपल वापरा खातीर खास परवाने घेवन विजेचीं टंकलेखन आयात करपाक मेळटलीं. भारतांतल्यानय कांय प्रमाण टंकलेखन यंत्रांची निर्यात जाताली. भारतांतल मलेशिया, अस्तंत कोरिया, फिलिपीन्स, मध्य उदेंती दे नेपाळ, बांगलादेश आदी देशांनी टंकलेखन यंत्र निर्यात जाताली.

संगणक (कम्प्युटर) हें लेखनाचें आधुनीक आनी जायत्यो लेखन सुविधा आशिल्लें उपकरण ये सावन, टंकलेखन यंत्र लागीं लागीं सगव आस्थापनांतल्यान ना जालां. तशेंच टंक लेखना काळांत सुरू जाल्ली टंकलेखन-शिक्षणाची आस्था वचून तांची सुवात आतां संगणक शिक्षण संस्थ घेतल्या.

- सं.

**टको :** टको हो एक कापडलेख. पैंगीणच्या वेताळ देवाच्या संग्रहांत आशिल्ल्या काळ्या रंगा ह्या कापड लेखाचेर हळडुवसार केसरी रंगाच्यो ओळिंचो लेख बरयल्लो आसा आनी लेखा सकयल्या भागांत वेताळ देवांच्यो आनी हेर देवां आकृत्यो काडिल्ल्यो आसात.

पैंगीणच्या वेताळ देवळांत आशिल्ल्या ह्या क लेखातल्यो ओळी अशो आसात.

**पयली ओळ : श्री गडि खांब गडिचा मेडा अंक टंक सुंक चवरगादी गादियेवर दावु पा मलरावु स्थापना चारि सोन्याच्या वाटियेवरि रू गोळा बावन्न ब्रदांचा वाट परिमळा उत्थरती पां सतियां.**

**दुसरी ओळ : श्री महिमा काळी गादी पांढरी तिही भुवीची उपरि सुवर्णाचा कलश गुत्ती मस गजाणन बेतुराणा बोलावून आणिला माणिकेंस घातला बारा रायांचा झुंजार बारा राय खंडीवे**

थळी के.

**तिसरी ओळ : ले तेरावे राज्याचा अंकणा घडि येक सेंह भैरपाळ शणांगता रक्षपाळ आले गेले यांचा तिपाळ अुलंघुनि धाडिला बळि आश्रमाचा आनला ोटिचे देती पण पाठिचे राखती शरणांगता वज्रपंजरा के 1745 सु.**

टक्याची मिरवणूक दर तीन वर्सांनी काडटात आनी हे मेरवणुकीवरवीं पैंगीण, लोलयें आनी खरेगाळी ह्या ाठारांतल्या देव-देवतांक फुडल्या वर्सा जावपी गड्यां ात्रेचें आमंत्रण दिवप जाता.

वेताळाचो भार आयिल्लो मनीस भाराक आवश्यक शे कपडे, फुलां आनी हातांत तरसाद घेवन मिरवणुकीचे ुडें आसता आनी ताच्या फाटल्यान तरंगा, सत्री आनी बंदीत कामकरी महाजन मंडळी वाद्यांचे संगतीन ाटल्यान चलतात. दरेका गावांत टाक्याचें आनी रोबरचे मंडळीचो येवकार, मानपान आनी टक्याचें ाचन जाता.

**- सं. मं.**

**माट :** (मराठी : टोमॅटो, हिंदी : टमाटर, गुजराती : विलायती वेंगण, इंग्लीश : टॉमेटो, ॅटीन : लायकोपर्सिकॉम एसकुलॅण्टम मिल, कूळ : ोलोनेसी). एक फळ वनस्पत.

तें जायतीं वर्सां जगपी आनी लागवडींतलें फकत एक र्सभर जगपी झाड. ह्या झाडाचें रोंप ल्हान आसतना ोडमूळ (Taproot) आसता. पुनर्लावणी करतना ह्या ुळा जाग्यार खोडाचे सकयले वटेन ॲडवॅण्टेशीयस ाळां येतात. व्हडल्या झाडाचीं असलीं पाळां 3 ते 5 फूट मनी सरपट लांब वतात. झाडाचें मुखेल एक खोड आसून ताकाच खांदयो येतात. तें सुरवातेक 1-2 फूट मेरेन उबें आसता आनी मागीर बागवता. झाडाची लांबाय 3 ते 4 फूट आनी जाडाय एक ते देड इंच आसता. खोड सुरवातेक नाजूक, केंसाळ आसता. उपरांत तें वातड जाता. खांदयांची लांबाय एक ते देड फूट आसता. पानां 4



ते 5 सें.मी. लांब आनी 2 ते 3 सें.मी. रूंद आसतात. ह्या झाडाक 4 ते 12 हळडुवीं लांबपी फुलां आसतात. फळां 5 ते 6 सें.मी. लांब आनी 4 ते 5 सें.मी. रूंद, लांबट, वाटकुळीं वा तांतयां आकाराचीं आसतात. ताचो रंग तांबडो वा हळडुवो आसता. भितरलो भाग मांसाळ आसून तातूंत बारीक बियो आसतात.

टमाटाचे खावपाचे मुखेल दोन प्रकार आसात. एसकुलॅण्टमआनी पिंपीनेली फोलियम (Pimpinelli Follium). ते भायर पुसा अर्ली ड्वॉर्फ (Pusa early Dwarf), पुसा रूबी (pusa rube), मारग्लोव, पुसा गौरव, अरका शितल, बेस्ट ऑफ ऑल आनी सिओक्स (Sioux) ह्यो हेर जाती आसात. हालीं टमाटाच्यो रूपाली, वैशाली, रश्मी ह्या सारक्यो संकरीत जाती प्रसारीत जाल्यात. वैशाली, कर्नाटक, हायब्रीड ह्यो टमाटाच्यो संकरीत जाती आसात.

टमाटाच्या झाडार फळां पोखरपी कीड इपीलाचना बिटल (Epilachana beetle) ही मुखेल किड आसा. मोझेक वा चुड्डो मुड्डो, मर, भुरी हे रोग ह्या झाडाक लागतात. झोझेक वा मर हो रोग टमाटाच्या झाडाक लागल्यार 250 मिली. डायमाथोएट उदकांत घालून फवारल्यार परिणाम बरो जाता.

बटाट आनी कणगां हांचे फाटोफाट टमाट हें संवसारांतले भाजीपाल्याचें म्हत्वाचें पीक. टमाट ही



पुश्टीक खाण दिवपी भाजी आसा, जातूंत जीवनसत्वां आनी खनिजांचें प्रमाण भरपूर आसता. टमाट भाजीपाल्याचें पीक आशिल्ल्यान तें एक संरक्षक जेवण म्हूण घेतात. हाचे भायर टमाटापसून सूप, सालाद, लोणचें, कॅचप, सॉस तयार करतात. चण्याचो रोस, मसुरचो रोस, दाळ, छोले, हातुंतूय टमाटांच्यो फोडी घालतात. टमाट, मिरसांगो आनी तांदळा-गंवाचें पीठ घालून टमाट ऑमलेट करता. जेवण मेजार सालादा वांगडा टमाटापसून गुलाब, सुर्यफुलां, बावलो-बावल्यांचीं रूपडीं तयार करून दवरतात.

'टोमाटिना फियेस्ता (टोमाटां-उत्सव) हो एक टोमाटांच्या गरांत खेळपाचो खेळ. हो खेळ ऑगस्ट म्हयन्यात स्पेनांतल्या ब्रुनोल वाठारांत मनयतात. ह्या उत्सवांत टनानीं टोमाटांचो गिरोपाची रास करतात आनी तातूंत आंगभर बुडून लोक वेगवेगळ्यो कसरती करतात. ह्या उत्सवा फाटल्यान मनोरंजना वांगडा कातिच्यो पिडा पयस करपी वैजकी-उपचार (टोमाटां पल्प थेरपी) आसता अशें मानतात.

- सं.

**टांकणखार** (Borax) : एक खनीज. ताचें सुत्र (formula) अशें (Na2 B4 Oy.10 H2O) ताचें नांव 'सोडियम टॅट्राबोरेट डेकाहायड्रेट (Sodium tetraborate decahydrate). तो कंवचेवरी चकचकीत आसून रंगान धवो फुल्ल आसता आनी ताची रूच गोडसार खारट आसता. टांकणखार हें नांव संस्कृतांतल्या टंकण शब्दा वयल्यान घेतलां. इंग्लीश नांव बोरॅक्स हें 'बराक' ह्या अरबी शब्दा वयल्यान घेतलां. बराक म्हळ्यार चकचकप.

चार हजार वर्सां आदीं बॅबिलोनियन लोक भांगराच्या कामांत तिबेटांतल्यान हाडिल्लो टांकणखार वापरताले. पुर्विल्ल्या काळांत, इजिप्ती लोक मडीं बाळगून दवरपा खातीर टांकणखार वापरताले. चीनी आनी अरब लोकय टांकणखाराचो उपेग करताले. सुश्रुतसंहिता ह्या वैजकी पुस्तकांत टांकणखाराचो उल्लेख मेळटा. 13 व्या शतमानांत मार्कोपोलो हाणें युरोपांत टांकणखार पावयल्लो.

'टिंकॅल' (Tincal) ह्या खनिजांत 55% टांकणखार आसता. टिंकॅलाचे साठें तिबेट, श्रीलंका आनी कॅलिफोर्नियाच्या सुकून पडिल्ल्या तळ्यांनी आसतात. इटली, अमेरिका, चिली, पेरू, कॅनडा, चीन, जर्मनी, सिरिया, तुर्कस्तान, रशिया ह्या देशांनी टांकणखार मेळपा सारके खजिनाचे ल्हान - व्हड सांठे आसात. हे सांठे वापरून थोड्या प्रमाणांत टांकणखाराचें उत्पादन जाल्लें आसा. भारतांतल्या काश्मिरांत टांकणखाराचे सांठे आसात. राजस्थानाच्या साबार तळ्याच्या उदकांत 0.5 प्रमाणांत टांकणखार आसा जाल्यार काठेवाडांतल्या

लिमडीचे मातयेंत टांकणखार मेळटा.

आदल्या काळांत भारतांत टांकणखार नितळ करून निर्गत करपाचो उद्देग जातालो. हालीं तेंपार अमेरिका संवसारभर टांकणखार पावयता. कोलमनायक (Colemanite), टिंकॅल आनी कर्नायट (Kornite) ह्या खनिजांपसून टांकणखार तयार करूंक मेळटा. पूण तो चडसो कर्नायट ह्या खनिजापसूनच तयार करतात. खाणींतल्यान टांकणखाराचें खनिज काडून ताचो पिठो करतात. B2 O3 बोरॉन ट्रायोक्साईड (Boron Trioxide) चें खरखरीत प्रमाण आशिल्ली भरसण उदकांत घोळयतात. हें उदक तापयतकच टांकणखार आनी हेर रसायनां विरतात. जाल्यार फातर आनी माती तशीच उरता ती गाळून काडटात. टांकणखार आनी हेर रसायनां विरगळिल्लें खदूळ उदक आटयतकच खदूळसाण हाडपी गाळ पोंदाक बसता. तो गाळून वेगळो केलो म्हणटकच टांकणखार घोळिल्लें नितळ उदक मेळटा. हातुंतल्यान उपरांत टांकणखाराचे स्फटीक (Crystals) मेळटात आनी ते नितळ करतात.

सर्ल तळयेच्या उदकांत आशिल्लो टांकणखार काडपाच्यो दोन पद्दती आसात त्यो अशो - उदक आटोवपाची पद्दत आनी कार्बोनिशन पद्दत. उदक आटोवपाचे पद्दतींत (Crystalisation) तळयेचें फावो तितलें टांकणखार आशिल्लें उदक आटयतकच तातूंत आशिल्ले मीठ, सोडियम सल्फेट, सोडियम कार्बोनेट, स्फटीक जावन वेगळें जाता. उपरांत उरिल्लेंउदक आनीक थंड करतकच टाकणखाराचे स्फटीक तयार जातात.

कार्बोनिशन पद्दतींत 'कार्बन डायॉक्सायड' हो वायू उदकांत सोडटकच उदकांत आशिल्लें सोडियम कार्बोनेट, सोडियम बायकार्बोनेट जावन वेगळो जाता. उपरांत उदकांतलो टांकणखार वयर सांगला तेच पद्दतीन काडटात. टांकणखार तापयतकच तातुंतलें उदक उडटा. मागीर कडलो की तो कंवचेभाशेन नितळ जाता. हातूंत धातूचें ऑक्सायड विरतात आनी धातूप्रमाण तांकां रग येता.

प्रयोगशाळेंत धातू तपासपाक टांकणखार मणी (Borax bead test) हाचो उपेग करतात. टांकणखार उदकांत विरता. टाकणखार घोळयल्लें उदक आल्कालायन आसता आनी ताचो पिएच (ph) सुमार 9.2 इतलो आसता.

टांकणखार सोल्डरींग, वॅल्डींग आनी ब्रेझींग करतना flux म्हणून वापरतात. धातूचो पृश्ठभाग नितळ करपा खातीर वापरतात. टांकणखार घालून तयार केल्ली कंवची तापोवन रोखडीच न्हिवयली जाल्यार लेगीत फुटना म्हणून कंवची तयार करपाक टांकणखार वापरतात. चीनी मातयेचीं आयदनां आनी तिजुले गुळगुळीत आनी चकचकीत करपाक टाकणखार उपकारता.

आदल्या काळांत तांब्या-पितुळच्या आयदनांक कळम येवंची न्हय म्हणून कलय काडटाले. ते कलयेक चकचकसाण येवपाक टांकणखार वापरताले.

तेभायर फस्कां, शाबू, कागद, चामडें, सारें, वखदां आनी तयार करपाच्या उद्देगांनीय वापरतात. भारतांतले टांकणखाराचे सांठे सोंपेपणान काडपाक मेळनात देखून भारत टांकणखाराची गरज आयात करून भागयता.

**- सं. मं.**

**पुरक नोंद : कलयकार**

**टांगो : पळयात → परिशिश्ट**

**टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च :** भौतिकी आनी गणित ह्या विशयांत मुलभूत संशोधन करपी ही एक संस्था. ही संस्था स्थापन करपाची मूळ कल्पना होमी जहांगीर भाभा हाची आसून, सर दोराबजी टाटा ट्रस्टच्या विश्वस्तांनी सरकारच्या सहकार्यान जून 1945 त ही संस्था स्थापन केली. मुंबयंतल्या पेडर रस्त्या वयल्या एका ल्हान जागेंत ह्या संस्थेचें कार्य सुरू जालें. विश्वकिरण (आकाशांतल्यान येवपी अतिशय भेदक किरण) उच्च दर्जा भौतिकी आनी गणित ह्या विशयांतलें




गणिताच्या पदव्युत्तर शिक्षणा कडेन संबंदीत अशा बाबीं विशीं मुंबय विद्यापीठाच्या प्रगत अध्ययन केंद्रा कडेन सहकार्य करप, भारतांतल्या महाविद्यालयांतल्या प्राध्यापक आनी संशोधक हांच्या खातीर गिमांत वर्ग घेवप ह्या सारकी कामां हो विभाग पळयता.

**भौतिकी विभाग** : ह्या विभागांत फुडल्या शाखांतल्या सिद्धांतीक आनी प्रयोगीक संशोधन कार्य चलता.

संशोधनाचें कार्य संस्थेन पयलीं हातांत घेतलें.

संस्थेचो व्याप वाडिल्ल्या कारणान 1947 वर्सा ही संस्था 'द रॉयल यॉट' क्लबाच्या मोट्या जागेंत व्हेली. संस्थेची सद्याची इमारत मुंबयच्या कुलाबा विभागांत मोट्या जागेत आसून ह्या इमारतीचें औपचारीक उक्तावण 1962 वर्सा जालें. ही संस्था भारताच्या अणुऊर्जा खात्याच्या प्रशासकीय कक्षेंत येता आनी ह्याच खात्याच्या वतीन तिका अनुदान मेळटा. ह्यां संस्थेंतलें अध्ययन आनी संशोधन हांची गणित आनी भौतिकी ह्या विभागांत विभागणी केल्या.

**गणित विभाग** : शुद्ध गणिताच्या वेगवेगळ्या क्षेत्रांतल्या उच्च दर्जाच्या संशोधनाक उर्बा दिवपा खातीर हो विभाग सुरू केलो. ह्या विभागाची उत्तरोत्तर वाढ जायत आसून तातूंत कांय विद्यार्थी आनी उरिल्ले पीएच. डी. पदवी उपरांतचे संशोधन करपी आनी नामनेचे गणितशास्त्री आसात. तांच्या वतीन जावपी व्याख्यानां आनी चर्चासत्रां तशेंच सगळ्या जगांतल्यान येवपी अभ्यागत, नामनेच्या गणीततज्ज्ञांची व्याख्यानां, ह्या भोंवतणी ह्या विभागाचें कार्य केंद्रीत जालां. तातूंतली चडशीं व्याख्यानां विभागाच्या 'लेक्चर नोट्स' नांवांच्या माळेंत उजवाडा येतात.

भौतिकी उपविभागाच्यो शाखा : उच्च ऊर्जा भौतिकी, अणुकेंद्रीय भौतिकी, घन अवस्था भौतिकी आनी सैद्धांतिक भौतिकी

**शाखा** : सैद्धांतीक खगोल भौतिकी, रेडिओ, ज्योतशशास्त्र आनी विश्वकिरण भौतिकी ह्यो शाखा कार्यरत आसात.

**(इ) उपविभागाच्यो शाखा** : संगणनशास्त्र आनी तंत्र, सूक्ष्मतरंग अभियात्रिकी, घन अवस्था इलेक्ट्रॉनिकी आनी जलविज्ञान ह्यो शाखा कार्यरत आसात.

**(ई) रासायनिक आनी जीववैज्ञानिक उपविभागाच्यो शाखा** : रासायनीक भौतिकी, रेणवीय जीवविज्ञान आनी कर्करोगा संबंदीचो खाशेलो प्रकल्प.

संशोधन आनी अध्ययन हांका उपयुक्त अश्यो खूब सोयी संस्थेंत केल्ल्यो आसात.

**शिक्षण आनी प्रशिक्षण** : शिक्षण आनी प्रशिक्षण हांची वाडपी गरज भागोवपा खातीर संस्थेंत वेगवेगळे कार्यक्रम आसात. प्रगत अध्ययनाचो आनी संशोधनाचो दर्जोवाडोवपा खातीर गणीत आनी भौतीकीच्यो खूब शाखो आनी तांचे संबंदीत क्षेत्र हातूंतलो पदवीधरां खातीर अध्ययनाचो कार्यक्रम संस्थेंत आसा. हे खातीर दर वर्सा

5-20 हुशार विद्यार्थ्यांक संस्थेंत प्रवेश दितात. ते ग्रातीर एम. एससी. वा एम. ए. पदवी आनी असामान्य शक्षणीक गुणवत्ता ह्यो किमान पात्रता आसून ह्या नार्यक्रमांतल्यान तांका खोलायेन प्रशिक्षण दितात. हातूंत सस्वी जावप्यांक मुंबय विद्यापीठाची पीएच. डी. पदवी दतात. विद्यार्थ्यांक चडांत चड पाच वर्सां मेरेन अर्थीक दत मेळटा. पीएस. डी. पदवे उपरांत खोलायेन अध्ययन रप्यांक अनुप्रयुक्त संशोधनाच्या क्षेत्रांत संदी दितात. हे स्थेक आंतरराष्ट्रीय नामना आनी मान्यताय मेळळ्या.

मुलभूत संशोधन करप आनी देशांतल्या हुशार वकांक मनीस गिन्याच्या अग्रभागी आशिल्ल्या क्षेत्रांत शिक्षित करून त्या क्षेत्रांत काम करपाक उर्बा दिवप, हो ग संस्थेचो उद्देश आसा. तो उद्देश साध्य करीत ासतनाच उद्योगीक नदरेन उपयुक्त अशा अनुप्रयुक्त शोधनाच्या क्षेत्रांत लेगीत ह्या संस्थेन आपलें फलदायी ागदान दिलां.

**- सं. मं.**

## टा इन्स्टिट्यूट ऑफ सोशल सायन्सेस :

समाजकार्य आनी समाजसेवा हांच्या विध आंगांचें शास्त्रशुद्ध संशोधन करपी आनी प्रशिक्षण दवपी, भारतांतलीच न्हय तर आशिया खंडातली पयली स्था. 1936 त भायखळा हांगा 'सर ाराबजी टाटा ग्रज्युएट स्कूल ऑफ शेशल वर्क' ह्या नांवांन हे संस्थेची थापना जाली. उपरांत 1944 त 'टाटा न्स्टिट्यूट ऑफ सोशल सायन्सेस' हें ांव ह्या संस्थेक दिलें. संस्थेचो व्याप ाडिल्ल्या कारणान 1954 त चेंबूर हांगा : संस्थेचें स्थलांतर केलें.

संस्थेची उद्दिश्टां :

1) समाजकार्य, समाजसेवा, कर्मचारी - वेवस्थापन आनी तत्वबंधीत वेवसायीक क्षेत्रां खातीर प्रशिक्षित कर्मचारी वर्ग निर्माण करपाच्या दृश्टीकोनांतल्यान सामाजीक शास्त्रांचे शिक्षण दिवप.

2) सामाजीक संशोधन करप आनी सामाजीक संशोधनपद्दतीचे प्रशिक्षण दिवप.

3) अभ्यासा विशीं पुस्तकां, नियतकालिकां, प्रबंध आनी शोधनिबंध हांचे प्रकशन करप.

4) संस्थेंतल्या अभ्यासकां खातीर व्याख्याना, परिसंवाद, परिशदो, चर्चासत्रां हांचे आयोजन करप.

5) विशेश कार्या खातीर योग्य अशा दुसऱ्या संस्था कडेन सहकार्य सादप.

6) समाजकार्य, समाजसेवा, कर्मचारी- वेवस्थापन आनी ताच्या कडेन लागिची अशी क्षेत्रां हे विशीं बरो समज आनी वेवसायीक कौशल्य वाडोवपा खातीर योग्य तो उपक्रम करप.

संस्थेंत एम. ए., पदव्युत्तर पदविका, एम. फिल आनी पीएच.डी. ह्या अभ्यासक्रमांची सोय आसून तातूंत समाजशास्त्राच्या सगळ्यां शाखा-उपशाखांचो आस्पाव आसा. संस्थेंत पोस्ट डॉक्टरेटच्या विद्यार्थ्यां खातीर संशोधन अधिछात्रवृत्त्यो आनी एम. ए. एम. फिल आनी पीएच. डी करपी विद्यार्थ्यां खातीर शिश्यवृत्त्यो दितात. तशेंच इनामां आनी पारितोशिकां दितात.




द इंडियन जर्नल ऑफ सोशल वर्क हें संस्थेचे त्रैमासीक 1940 पासून उजवाडा येता. ह्या शिवाय संशोधन अहवाल, प्रबंध, संकलन, सामाजीक कार्याच्या शिक्षणा खातीर व्यक्तिवृत्तां, (केस-रेकॉर्डस) अशें वेगवेगळ्या प्रकारांचे लेखन संस्था प्रकाशीत करीत आसता. संस्थेचें ग्रंथालय अद्ययावत आसून तातूंत संबंदीत विशयांचे म्हत्वाचे ग्रंथ आसात. 'नागरी बालक आणि युवा अभ्यास

विभाग'' आनी शैक्षणिक समाजशास्त्र अभ्यास विभाग' हें दोन संशोधन विभाग आसात.

आतां मेरेन जायत्या संशोधन प्रकल्पांचो अहवाल पुस्तकरूपांत उजवाडा हाडला. संशोधना खातीर एकठांय केल्ली मुळावी म्हायती आधुनीक तात्रीक माध्यमा वरवीं संकलन करपाची सुविधा संस्थेंत आसा.

'बाल मार्गदर्शक उपचार केंद्र', 'वरळी समाज केंद्र', आनी 'लोक सहयोग केंद्र' ह्यो समाजकल्याण संस्था, संस्थेवतीन चलतात. हे संस्थेंत सामाजीक कार्य ह्या विशयांत शासकीय अधिकाऱ्यांक प्रशिक्षण दितात. हाका लागून हे संस्थेक आंतरराष्ट्रीय नामनां मेळ्ळी. सामाजीक कार्य, कर्मचारी - वेवस्थापन आनी कांय प्रमाणांत सामाजीक शास्त्रांच्या हेर क्षेत्रांत लेगीत बहुविध प्रशिक्षणकार्य आनी संशोधन करून संस्थेन उच्च शिक्षणीक दर्जा मेळोवन तो सांबाळपाच्या नदरेन संस्था सदांच प्रयत्नशील आसता.

**- सं. मं.**

**टाळ :** एक घन वाद्य. दोन पितुळचीं दालीं घेवन तांका खोलगट वा दोण्याचो आकार दिल्लो आसता. ह्या दाल्यांमदीं थोडोसो उंचवटो आसता. ह्या उंचवट्याचे मदीं बुराक करून तातूंत दोरी गुंथतात आनी उंचवट्या भितल्ले वटेन दोरयेची गांठ मारतात. आतां दोरयेचे सुवातेर सरपळी आनी हातांत धरपा खातीर लांकडी मुठी हांचो वापर करतात. टाळाचीं दोनय दालीं एकामेकांक



जोडचे खातीर तांचे मुठी कडेन सुती दोरी बांदतात. उब्या वा चलत्या भजनी कार्यक्रमांत ही दोरी गळांत घालून टाळ वाजयतात वा वाजोवपाचें नासता तेन्ना हे दोरये वरवीं टाळ गळ्यांत हुमकळटा. हे दोन कुडके दोन हातांनी घेवन तांचो एकामेकांचेर आघात करून ताल धरतात. ह्या वाद्याचो उपेग देवळांत भजन, किर्तन, दिंडी आदी धर्मीक प्रसंगा वेळार वा आरत्यां वेळार ताल धरूंक करतात.

**'एका हाती टाळ, एका हाती चिपळिया।**
**घालिती हुंमरी एक वाताती टाळिया ॥**

असो तुकोबा टाळांचो उल्लेख करता.

**- सं.**

**टायप रायटर : पळयात → टंकलेखन**

**टिपऱ्यो :** एक नाच प्रकार. बारा ते चवदा इंच लांबायेच्यो लांकडाच्यो बडयो कांतून गोल करतात. हांचीं तोंकां तासून अशीर करतात. तांकां टिपऱ्यो म्हणटात. ह्यो रंगयतात आनी तांकां रंगीत गोंडे बांदतात. फेर धरून नाचतना ताल धरपा खातीरय ह्या टिपऱ्यांचो उपेग जाता.

ह्या नाचांत धा-बारा वा चड जाण वांटो घेवंक शकतात. नाचतना आपले दावे उजवे वटेंतल्या नाचप्यांच्या टिपऱ्यांचेर आपली टिपरी मारतात. कांय खेपे खेळचे पयली दोन-दोन नाचपी एकामेकां सामकार उबे रावतात आनी एकामेकांच्या टिपऱ्यांचेर टिपरी मारतात आनी नाचतात. ह्या नाच्याच्यो विंगड विंगड गती आसून ह्यो करतना तशींच वेगळीं वेगळीं पदां म्हणटात. ह्या नाचाक व्हड झांज आनी धोलक्याची साथ आसता. कांय खेपे टिपऱ्यांच्या नाचा वांगडा नाचपी गोफूय विणटात.

टिपऱ्यांचो नाच हो खूब पुर्विल्लो. श्रीकृष्ण गोपी वांगडा टिपऱ्यो खेळिल्ल्यांचीं वर्णनां आसात. महाराष्ट्रांतल्या संतांनी कृष्णाचे टिपरेचेर अभंग वा पदां रचल्यांत.



आदल्या काळांत टिपऱ्यांचो खेळ गोंयांत खेळटाले. पूण उपरांतच्या काळांत हो खेळटना खुबूच कमी दिसपाक लागलो. गोंयांत शिगम्या वेळार खेळटल्या तोणयांमेळ नाचा कडेन ह्या खेळाची लागसाण आसा. गोंयांत तरेकवार जाती-धर्मीय लोक उत्तर-दक्षीण भारतांतल्यान स्थायीक जाल्यात. तशेंच तेय आपल्या बराबर आपली संस्कृती-परंपरा घेवन आयल्यात.

'दांडिया' हो लोकनाच गुजरात प्रांतातलो. गोंयांत हे लोक स्थायीक जाल्ल्यान ते दर नवरात्रा वेळार दांडिया खेळटात. हो खेळ टिपऱ्यांशिवाय खेळप शक्य जायना. हातूंत हालिंसरां गोंयकार तरणाटेय मोटे उमेदीन आसपावतना दिसतात. आयज खुबशे क्लबस मुखार आयल्यात. ते आपल्या ऐपतीप्रमाण कार्यावळी प्रायोजीत करतात. नवरात्रा उत्सवा वेळार हे क्लब 'दांडिया' (टिपऱ्यां खेळ) आयोजीत करतात. हातूंत इनामांय दवरतात. नवरात्रा उत्सवा वेळार गुजराती भाव-भयण हो पारंपारीक खेळ खेळटातूच, पूण गोंयकार तरणाटो, तरणाटीं पिळगी ह्या टिपऱ्यां खेळांत एक सर्तक म्हूण वांटेकार जातात. हालिंसरां ह्या खेळाक एक सर्तकीय रूप आयलां.

- **सं.**

**पुरक नोंद : तोणयांमेळ**

**टी. डी. हायस्कूल (कोची) :** केरळ राज्यांतल्या कोचीन शारांतली एक आद्य शिक्षण संस्था. हिची स्थापना 1887 तले विजयदशमीक जाली. हिची सुरवात तिरूमला देवस्वंमविद्याशाळा ह्या नावान जाली आनी ती चल्यांची अँग्लो-व्हर्नाकुलर प्राथमीक शाळा आसली. ते वेळच्या, तिरूमला देवस्वमाचो विश्वस्त श्री हरी शेणय हो तिचो संस्थापक आसलो. ताच्या अथक कश्टांक लागून तिका रोकडीच मध्यम शाळा म्हणून दर्जोप्राप्त जालो आनी उप्रांत 1899 त तिका माध्यमीक शाळा म्हणून मान्यताय मेळ्ळी.

1896 सावन चल्यां वांगडा चलयांकय थंय शिक्षण घेवपाक मेकळीक मेळ्ळी.

1912 त पी. दोयरास्वामी अय्यर, आनी 1916 त एम्. शेशगिरी प्रभू हांचे मुख्याध्यापिकिच्या काळांत हे संस्थेची सर्वांगी उदरगत जावंक पावली.

1931 त, शाळेक राज्य शिक्षण मंडळा कडसून अनुदानीत शाळेचो दर्जोप्राप्त जालो. भाशीक अल्पसंख्यांकाची शाळा म्हणून मान्यताय मेळिल्ले हे शाळेंत प्राथमीक वर्गांत कोंकणी भास शिकयतात.

सद्याक हे शाळेचो कारभार टी. डी. कॉर्पोरेट एज्युकेशनल एजन्सी मार्फत चलता आनी तिरूमला देवस्वमचो अध्यक्ष हे संस्थेचो वेवस्थापक म्हणून काम पळयता.

सद्याक हे संस्थेचो विस्तार जावन, तिच्या वेवस्थापनाखाला दोन प्राथमीक शाळा (L P S) एक शिक्षक प्रशिक्षण केंद्र, स्वयं-अर्थबळ माध्यमीक शाळा, एक वेदशास्त्र पाठशाळा आनी एक माहिती तंत्रगिन्यान केंद्र चलता.

संस्थेच्या भांगरा उत्सवी काळांत, संस्थेन सद्याची मध्यवर्ती सुवाते वयली इमारत बांदली. तेपयलीं 1954 त, हिरक महोत्सवा निमतान एक सभाघर संस्थेन बांदून



टी. डी. हायस्कूल (कोची)

घेतलें.

ह्यो दोनय वास्तू म्हणजे सद्याक कोची शाराचें शिक्षणीक तशें सांस्कृतीक कार्यावळीचें मध्यवर्ती केंद्र जालां. ह्याच काळांत टी. डी. गर्लस, एल. पी. स्कूला खातीर एक वेगळी इमारत संस्थेन तयार केली.

हाचे जोडयेक एक सुसज्य प्रयोश शाळा एक वाचपघर आनी एक व्हड खेळा-मैदान संस्थेकडेन आसा. हांगा एन्‌सीसी, स्कावट्स आनी गायडस् ज्युनियर रेड क्रॉस, वाद्य-वृंद हांच्योय कार्यावळी चलता.

विद्यार्थी आनी शिक्षक हांकां हांगा सांस्कृतीक कार्यावळी तशें खेळां -सर्तींत वांटो घेवपाक प्रोत्साहन आनी सुविधा मेळटा जाल्ल्यान, हे संस्थेच्या विद्यार्थ्यांनी तशें शिक्षकांनी राज्य आनी राष्ट्र पांवड्यार पुरस्कार जोडून संस्थेक भोवमानीत केल्या.

2012 वर्सा एस्. एस्. एल्. सी परिक्षे खातीर सर्वाधीक अशे 277 विद्यार्थी धाडून तातुंतले सगळ्यांचे सगळे पास जावंन, संस्थेचो 100 टक्के निकाल लागला.

हे संस्थेत शिकून गेल्ले जायत्यां विद्यार्थ्यांनी वेगवेगळ्या मळांचेर नामना जोडल्या.

- **सं. मं.**

**टिळक, नारायण वामन :** (जल्म : 6 डिसेंबर 1861, करंजगाव, महाराष्ट्र, मरण : 9 मे 1919 मुंबय).

कोंकणांतलो नामनेचो कवी, तत्वचिंतक, धर्मप्रसारक, कीर्तनकार, शिक्षक, पुराणिक (भट). ताचें शिक्षण कल्याण आनी नाशिक हांगा जालें. 1880 वर्सा मनू गोखले (लक्ष्मीबाई) हिचे कडेन ताचें लग्न जालें. मुखार अकरा वर्सां नागपरू, वणी, मुंबय, मुरबाड आदी सुवातिंनी ताणें कीर्तनकार, पुराणिक (भट), शिक्षक, जुळारी (कंपोजर) आदी अशे अनेक वेवसाय केले. नाशिक हांगा गणेशशास्त्री लेले हांचे कडेन ताचें संस्कृतचें अध्ययन जालें.

1993 वर्सा नागपूर हांगा 'ऋषि' ह्या स्वधर्म परिज्ञानाक ओपिल्ले मासिकेचें संपादन ताणे केलें. राजनांदगांव हांगा वता आसतना एका ख्रिस्ती मनशा कडेन ताची भेट जाली. हे भेटी उपरांत ताच्या जिवितांत क्रांतिकारक परिवर्तन जावन 1895 वर्सा ताणें ख्रिस्त धर्म आपणायलो. ते खातीर भजन, कीर्तन, पुराण, अभंग रचना आदी भारतीय साधनांपसून तो पयस जालो. ख्रिस्ती उपासना पद्तींत अस्सल भारतीयत्व आनी मराठीपण सांबाळून ताका नवी दिका दिवपाचो ताणें प्रयत्न केलो. तो रेव्हरंड जालो. 1900 वर्सा ताची घरकान्न

लक्ष्मीबाईनूय स्वखोशयेन ख्रिस्ती धर्म आपणायलो.

टिळकान कविते वांगडा गद्यलेखनूय केलें. तातूंत आदल्या काळांत हिंदू धर्माक अनुकूल आनी मुखार ख्रिस्ती धर्माक पुरक अशें लेखन केलां.1912 ते 1919 ह्या काळांत ख्रिस्ती 'ज्ञानोदय' मासिकाचें संपादक म्हूण ताणें काम केलें.

ताणें केशवसूत हाचें पयलीं काव्यलेखनाक सुरवात केली. स्फूट कविते बराबर अभंग आदी बरोवन पोन्न्यां दीर्घ कथनांचे रचनेकूय आधुनीक दिका दिली. ताचें एक म्हत्वाचें कार्य म्हणजे ताणें लक्ष्मीबाई टिळक हिका कवयित्री आनी लेखिका म्हणून घडयली. निसर्ग प्रेम, कुटुंब प्रेम, देशभक्ती, तत्वचिंतन आदी विशयांचेर आदारीत ताच्यो कविता आसात. त्यो सादी, सरळ आनी सोपे भाशेंत आसात. 'वनवासी फूल' हे ताचें खंडकाव्य प्रवृत्ती आनी निवृत्ती हांचेमदीं द्वंदाचें चित्रण करता. रामायणा वयल्यान सुचलेलें 'ख्रिस्तायन' हें ओवीबद्ध चरित्र ताणें बरयलें. फुडें ते लक्ष्मीबाईन पुराय केलें.

'अभंगांजली' (1920) त ताची ख्रिस्तीधर्मस्रद्धा आनी तुकारामा विशींचें आपलेंपण स्पश्ट जाता. मायदेश आनी मायभाशेचो अभिमान व्यक्त करतना 'धर्मांतर म्हणजे देशांतर नव्हे' हें ताणें सांगलां.

महाराष्ट्रांत प्रॉटेस्टंट ख्रिस्ती मिशनाक आनी लोकांमदीं मराठीचो आनी महाराष्ट्राचो अभिमान तसोच तिगोवन दवरपांत ताचो मोटो हातभार लागला. ताणें दत्तकवी हाका स्फुर्ती दिली, तर बालकवींक आपल्याच कडेन दवरून घेवन तांच्या कवितेची आनी व्यक्तिमत्वाची जडणघडण केली.

आधुनीक मराठी कविपंचकांत ग. त्र्यं. माडखोलकरान ताचो अग्रक्रमान आसपाव केल्लो आसा. 'स्मृतिचित्रा' त लक्ष्मीबाईन रंगयिल्लें ताचें चरित्र विलक्षण प्रत्ययकारक आसा. ताका लागून ख्रिस्ती मराठी साहित्याची एक नवी शाखा आनी परंपरा मराठींत निर्माण जावपाक मदत जाली.

**- सं. मं.**

**टिळक (लोकमान्य) बाळ गंगाधर :** (जल्म : 23 जुलय 1856 चिरवली, रत्नागिरी, महाराष्ट्र, मरण : 1 ऑगस्ट 1920)

कोंकणातलो भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामाच्या इतिहासांतलो श्रेश्ठ फुडारी, नामनेचो संशोधक, गणित आनी भारतीय तत्वज्ञानाचो भाश्यकार आनी खर राश्ट्रवादी. ताचें पारंपारीक संस्कृत अध्ययन घरांतूच जालें. 1866 वर्सा ताच्या बापायची बदली पुण्याक जाली. ताका लागून टिळक आपल्या आवय-बापाय वांगडा पुण्याक आयलो. 1972 वर्सा तो मॅट्रिकेची परीक्षा पास जालो. 1973 वर्सा ताणे डॅक्कन कॉलेजांत प्रवेश घेतलो आनी 1876 वर्सा बी. ए. ची परिक्षा गणित विशय घेवन पयल्या वर्गांत पास जालो. बी. ए. जातकच ताणें कायद्याचो अभ्यास करून 1879 वर्सा तो एल. एल. बी. ची परिक्षा पास जालो.

गंगाधरपंताचो संस्कृताचो व्यासंग आनी अध्यापन वेवसायाक लागून, ल्हानपणांतूच टिळकाच्या मनाचेर हिंदू आचार-विचारांचे खोलायेन संस्कार जाल्ले. मिल आनी स्पॅन्सर ह्या अस्तंती विचारवंतांचो ताचेर खूब प्रभाव पडलो. आपले भोंवतणचे परिस्थितीचो, समाजाचे आनी देशाचे अवस्थेचो गंभीरतायेन तो विचार करूंक लागलो. न्या. रानडे हाणें विंगड विंगड समाजीक संस्था निर्माण करून समाज जागृतायेचें कार्य चलयल्लें. ताका लागून आपलो देश परकी राजसत्तेसावन मुक्त करूंक जाय हो ताचो विचार पक्को जालो. ते खातीर आपल्या समाजाक योग्य तरेन शिकोवंक जाय, परकी सरकारच्या शिक्षणसंस्थांनी तसलें शिक्षण मेळचेंना देखून पयलीं शिक्षणसंस्था सुरू करपाक जाय ह्या हेतान ताणीं कार्याक सुरवात केली.

1 जानेवारी 1880 दिसा, पुण्यांत विष्णुशास्त्री चिपळुणकार हाच्या फुडारपणाखाला ताणें 'न्यू इंग्लीश स्कूल' ह्या विद्यालयाची स्थापणूक केली. शाळा कॉलेजांनी घेवपाच्या शिक्षणा वांगडा भायल्या समाजाक लेगीत शिक्षण दिवन जागृत करप गरजेचें हे जाणविकायेन

गोपाळ गणेश आगरकाराक घेवन टिळकान 1881 वर्सा मराठींतल्यान 'केसरी' आनी इंग्लिशींतल्यान 'मराठा' ही खबरांपत्रां सुरू केलीं.

आगरकर 'केसरी' चो आनी टिळक 'मराठा' चो संपादक आशिल्लो. नेमाळ्यां वतीन राजकीय जागृताय, लोकशिक्षण आनी शासकीय अन्यायाचो प्रतिकार हें ताचें इतिहासीक कार्य हांगा सावन सुरू जालें.

सुरवातेक ताणीं, कोल्हापूरच्या छत्रपतींच्या वारसाचेर ब्रिटीश रेसिडॅण्ट आनी त्या संस्थानाचे कांय अधिकारी मेळून करपी अन्यायाक वाचा फोडपाचें कार्य ह्या दिसाळ्यांतल्यान केलें. हातूंत उजवाडा आयिल्ल्या लेखांनी बदनामी जाली म्हण दिवाण माधवराव बर्वेहाणें टिळक, आगरकराचेर फिर्याद केली. दोगांकूय चार म्हयन्याची ख्यास्त जावन डोंगरीचे बंदखणींत दवरले. 26 ऑक्टोबर 1882 दिसा तांची सुटका जाली.



1882 वर्सा विष्णुशास्त्रीक मरण आयलें. मजगतीच्या काळांत टिळक आनी आगरकराचे वैचारीक मतभेद जाले. टिळकाक आपली सगळी शक्त राजकीय जागृतायेचेर आनी ब्रिटीश सत्तेआडच्या उठावाचेर केंद्रीत करपाची आशिल्ली. स्वाभिमान, उमेद, स्वराज्यनिश्ठा होच राश्ट्राचो खरो आत्मो वा जीव आशिल्ल्यान थंय सामाजीक सुदारणा आसताच अशें टिळकांचें मत आशिल्लें. राश्ट्राची सामाजीक उदरगत जावंची न्हय अशें टिळकांचें म्हणणें नाशिल्लें, पूण ती राजकीय उदरगतीन आनी स्वाभिमानान जावंक जाय अशें टिळकांक दिसतालें.

1884 वर्सा वॅडरबर्न, वर्डस्वर्थ, मंडलिक, तेलंग, दांडेकर, य. मो. केळकर, भांडारकर हांच्या आदारान टिळक-आगरकरान'डॅक्कन एज्युकेशन सोसायटीची' स्थापणूक केली. 1885 वर्सा हे संस्थेवतीन फर्ग्युसन म्हाविद्यालयाची स्थापणूक केली. टिळक तातूंत संस्कृत आनी गणित विशय शिकयतालो. फुडें संस्थेच्या धोरणांविशीं टिळकाचे मतभेद जालेआनी ताणें राजिनामो दिलो. उपरांत राजकारण हेंच आपले कार्यक्षेत्र थारावन 'केसरी' आनी 'मराठा' पत्रांचो संपादक ह्या नात्यान कामाक सुरवात केली.

'केसरी' आनी 'मराठा' हातूंत तेजिश्ट अशे लेख बरोवन तशेंच प्रसंग अनुरूप अशीं भाशणां दिवन, ताणें प्रभावीपणान लोकजागृतायेचें कार्य केलें. ब्रिटीश सरकाराच्या राज्यकारभारांतले दोश आनी ताचो अभ्यास हांचेर दिसाळ्यांतल्यान टिका करतांना ताणें कायद्याची शीम हुंपलिना.

प्रांतिक परिशदो आनी काँग्रेसीच्या कार्यांत वांटो घेवन ताचें स्वरूप जहाल राष्ट्रवादी केलें. लोकांच्या मनांत देशाभिमान आनी स्वातंत्र्य प्रेम जागोवन स्वातंत्र्या खातीर संघर्श करपाक लोकांक तयार करपाचो यत्न केलो. 'स्वराज्य हो म्हजो जल्मसिद्ध हक्क आसा आनी हांव तो मेळयतलोंच' हे भुमिके मेरेन लोकांक व्हरपाच्या कार्याचो ताचो मुखेल हेतू आशिल्लो.

डॅक्कन एज्युकेशन संस्था सोडटकच 1890 - 97 ह्या ाळांत टिळकान कितलींशींच वेगवेगळीं कार्यां केली. ख़ीक : 1) संमतिवयाच्या कायद्याक विरोध 2) ग्रामण्य करण 3) रमाबाईचें शारदासदन 4) हिंदु - मुसलमान ोकां भितर उप्राशिल्लें दंगे सोडोवन लोकजागृताय करप ) भौशीक समाजकार्य आनी हेर लोकजागृतायेचीं ाधनां म्हणून गणपती आनी शिवजयंती ह्या उत्सवांक ौशीक रूप दिवपाची कल्पना मुखार हाडप. राष्ट्रीय ागृताय करप, स्वातंत्र्याकांक्षा वाडोवप, म्हापुरूसांचें मरण करप आनी धर्म-संस्कृती हांचें गिन्यान सामान्य ोकांक करून दिवप हें ह्या उत्सवांचे मुखेल हेत टिळकान केसरी नेमाळ्यांत उजवाडायले.

1894 वर्सा मुंबयच्या विश्वविद्यालयाच्या सिनेटाचेर टिळकाची नेमणूक जाली. ह्या वर्सा ताणें आय. सी. एस. ी परीक्षा इंग्लंडा भाशेन भारतांतूय घेवची असो रकाराक अर्ज केलो. 1895 वर्सा तो लेजिस्लेटिव्ह ाऊन्सिलाचेर वेंचून आयलो. त्याच वर्सा पुण्यातली ार्वजनीक सभा आपल्या हातांत घेतली आनी हे सभेच्या ीन म्हयनाळ्यांत 'डिसँट्रलायझेशन ऑफ फायनान्स' हो ेख विस्तारान बरयलो. 1896 वर्सा दुकळ आनी प्लेग ्या पिडांच्यो धामी अशीं दोन संकश्टां पुणें आनी हाराष्ट्रांतल्या काय जिल्ल्यांचेर आयलीं. दुकळ निवारणा खातीर सरकाराचे कांयच यत्न नाशिल्ले.पूण लेगाची धाम निवारण करपाच्या निमतान ब्रिटीश झुजारी राघरांनी वचून अत्याचार करपाक लागले. त्या वेळार टिळकान एके वटेन दुकळ निवारणाचें कार्य आनी दुसरे वटेन सरकाराचेर खर टिका करपाक सुरवात केली. फॅमीन रिलीफ कोड ह्या कायद्याक धरून सरकाराक ताच्या कर्तव्याची जाणीव दिवन ब्रिटीश सैनिकांक शिटकावणी दिली. लोकांकूय आपल्या न्याय गाराण्यांची दाद मागून वेवपाक आवाहन केलें. दुकळ पिडेस्त लोकां खातीर नवाय धान्याचीं दुकानां, भौशीक दवाखाने सुरू केले. ब्रिटीश शासनाक टिळकाचो विरोध जाणवपाक लागलो. ो मोडून काडपाच्या हेतान 27 जुलय 1898 वर्सा 'केसरी' तले लेख उचांबळाय निर्माण करपी आशिल्ल्याचें निमित्त करून टिळकाचेर राजद्रोहाचो खटलो भरलो. ब्रिटीश न्यायालयान टिळकाक दोशी थारायलो आनी बंदखणिची ख्यास्त फर्मायली. 6 सप्टेंबर 1898 वर्सा ताची सुटका जाली.

1889 वर्सा सावन अखिल भारतीय राश्ट्रीय कॉंग्रेस हे संस्थे कडेन टिळकाचो संबंद आयलो. 4 जुलय 1899 ह्या दिसा 'पुनश्च हरि: ॐ।' हो केसरींत अग्रलेख बरयलो. टिळकान लॉर्ड कर्झनाचे कारकीर्दीचेर, ताणें शिक्षण संस्थांचेर लादिल्ल्या बंदनाचेर खर टिका केली. ह्या अदमासाक, ताईमहाराज प्रकरणांत फटिची गवाय आनी फटिचो दस्तऐवज सादर केलो असो आरोप जाल्ल्यान टिळकाक खूब मनस्ताप सोंसचो पडलो. पूण उपरांत ताचोच विजय जालो.

20 जुलय 1905 दिसा लॉर्ड कर्झन हाणें बंगालची फाळणी जाहीर करतकच सगळो देश उचांबळीत जालो आनी उग्र आंदोलन सुरू जालें. टिळकान बंगालातले चळवळींक फाटबळ दिलें आनी स्वदेशी बहिश्कार, राष्ट्रीय शिक्षण आनी स्वराज्य हांचो पुरस्कार केलो. ही फाळणी आडची चळवळ दिसानदीस खर जायत आसतनाच हेवटेन राष्ट्रीय सभेंत नेमस्त आनी जहाल हांचेमदीं मतभेद जाले आनी संस्थेंत फूट पडली. हे फाटाफुटी उपरांत टिळकान 'देशाचें दुर्दैव' आनी 'हे उपाय टिकाऊ नाहीत' हे 'केसरी' त दोन अग्रलेख बरयले. ताका लागून राजद्रोहाच्या आरोपा खाला अटक करून ताचेर खटलो भरलो. ज्युरींत सात इंग्रज आनी दोन हिंदी मनीस आशिल्ले. सात आड दोन मतांनी, ज्युरीन टिळकाक दोशी थारावन स वर्सां काळ्या पाण्याची आनी रु. 1000 दंड भरपाची ख्यास्त फर्मायली. काळ्या पाण्याची ख्यास्त दिवपा खातीर टिळकाक ब्रह्मदेशांतले मंडालेचे बंदखणीत दवरलो. ह्या काळांत ताणें 'गीतारहस्य' हो मोलादीक ग्रंथ बरयलो. उपरांत 15 जून 1914 दिसा टिळकाची सुटका जाली.

कशे तरेची राज्यवेवस्था योग्य थारतली, हेविशीं

विस्कटावणी करून 'हिंदी स्वराज्य संघ' ह्या विशयाचेर 1915 वर्सा ताणें चार लेख बरयले. 1 मे 1916 दिसा होमरूल लिग वा हिंदी स्वराज्यसंघ' टिळकान बेळगांवां सुरू केली. होमरूलची चळवळ टिळकान आनी बेझंटबाईन जोडयां चलयली. 1916 वर्सा लखनौ शारांत जाल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनाच्या वेळार टिळक परतून कॉंग्रेसींत गेलो. ह्या अधिवेशनांत टिळकाच्या यत्नांक लागून कॉंग्रेस लीग कबलात जाली आनी कॉंग्रेस लीग संयुक्त अधिवेशन जावन स्वराज्याचे मागणेचो थाराव एकमतान मंजूर जालो. मार्च 1918 त टिळक, होमरूल लीगाचें शिश्टमंडळ घेवन इंग्लंडाक गेलो. मजगती जून 1916 त पिरायेचीं 60 वर्सां पुराय केल्ले खातीर एका व्हड सुवाळ्यांत टिळकाक एक लाख रूपयांची थैली भेटयली. ती ताणें राश्ट्रकार्यां खातीर वापरपाची घोशणा केली.

सर व्हॅलेंटायन चिरोल हाच्या 'इंडियन अनरॅस्ट' ह्या 1915 वर्सा उजवाडायल्ल्या ग्रंथाविशीं टिळकान अब्रुलुकसाणीची फिर्याद केल्ली. तिचो फेब्रुवारी 1919 त टिळकाआड निकाल लागलो. ह्या खटल्यांत टिळकाक खूब लुकसाण जालें. पूण ह्याच ग्रंथान ताका 'फादर ऑफ इंडियन अनरॅस्ट'(भारतीय असंतोशाचो जनक) हें मानादीक नांव मेळोवन दिलें.

10 जून 1918 दिसा गव्हर्नरान मुंबयत, झूज परिशद घेतली तेन्ना थंय टिळक हाजीर आशिल्लो. लॉर्ड विलिंग्टन हाणें आपल्या प्रस्ताविक भाशणांत होमरूल मागण्यांचेर टिका करतकच टिळकान भाशण केलें, आनी म्हळें "हिंदुस्थानाचेर केन्नाय आक्रमण जालें जाल्यार हिंदी लोक देहत्याग करतले पूण स्वराज्य, स्वदेश आनी संरक्षण हांची साखळी केन्नाच मोडचे नात." विलिंग्टन हाणें टिळकाक थांबयलो, त्यावेळार टिळकान सभात्याग केलो.

उपरांत होमरूल लीगाचे पुणें-परिशदेंत थारायल्लेप्रमाण टिळकान कॉंग्रेस डॅमॉक्रॅटीक पक्षाची स्थापणूक केली. कॉंग्रेसीकडेन एकनिश्ठ रावप आनी लोकशायेचेर स्रद्धा आसप ह्या दोन तत्वांचेर हो पक्ष आदारिल्लो. भारतान राश्ट्रकुलांत रावचें, लोहमार्गाचें राश्ट्रीयीकरण जावचें, भाशावार प्रांतांची रचणूक करची, शेतकामगारांचें उण्यांत उणें वेतन थारावचें अशो सुचोवण्यो त्या जाहीरनाम्यांत आसात.

राजकीय कार्या वांगडाच टिळकाचीं सामाजीक कार्यांय चालू आशिल्लीं. सुरत कॉंग्रेसी उपरांत ताणें सोऱ्या बंदिची चळवळ सुरू केली. ताचेर लेख बरोवन व्याख्यानांय दिलीं. 'पैसा फंड' ही संस्था चालीक लावन सामाजीक हिता खातीर लाखांनी रूपयांचो निधी एकठांयलो. टिळकान आपलें चडशें लिखाण 'केसरी' आनी 'मराठा' ह्या नेमाळ्यांतल्यानच केलें. संस्कृत आनी इंग्लीश वाड.मयाचो टिळकान खोलायेन अभ्यास केल्लो. ह्या विशयांचो ताचो व्यासंग खूब व्हड आशिल्लो.

भारतीय तत्वज्ञान हो ताचो आवडीचो विशय. राजकीय मळार काम करतना, वेळ मेळटा तेन्ना बंदखणींत लेगीत ताणें कांय ग्रंथ बरयले. ताचे चडशे ग्रंथ संशोधन करून बरयल्ले आसात. 'गीतारहस्य', 'ओरायन', 'आर्क्टिक होम इन द वेदास' आनी 'वेदांगज्योतिष' हे ताचे कांय मुखेल ग्रंथ आसात.

टिळकाच्या श्रीमद्‌भगवद्‌गीतारहस्य' वा कर्मयोगशास्त्र' ह्या ग्रंथांत ताणें गीतेचें स्वतंत्रपणान पारायण करून ताका गीतेचो जो बोध जालो ताची विस्कटावणी केल्या. 1892 चे लंडनचे ओरिएंटल परिशदे खातीर टिळकान 'ओरायन' हो संशोधनात्मक प्रबंध बरयलो. हातूंत ताणें वेदाचो कालनिर्णय हो विशय हाताळ्ळा. मॅक्स म्युलरान जो वेदांचो काळ थारायला तो भाशीक संशोधनाचेर थारायल्ल्यान तो सारको न्हय अशें टिळकांचें मत आशिल्लें. ते खातीर टिळकान दैवतशास्त्र, भाशाशास्त्र, संहिता आनी ब्राह्मणे हातूंतले ज्योतिशशास्त्र विशींचे सगळे संदर्भ एकठांय करून ज्योतिशाच्या गणितान वेदांचो काळ सुमार इ. स. पयलीं 4500 वर्सां हो थारायल्लो. 'आर्क्टिक होम इन द वेदास' ह्या ताच्या

रवड्याचे बंदखणींत बरयल्ल्या ग्रंथांत ताणें आर्यांचें ळस्थान हें उत्तर ध्रुवाच्या प्रदेशांतच आसूंक जाय अशें दांतल्या ऋचांच्या आदारान मांडलां. हो ग्रंथ 1903 र्सा उजवाडा आयला.

टिळकान केल्ली लोकसेवा, ताची निर्भय वागणूक, ाची कार्य पद्दत, विंगड विंगड चळवळींवतीन लोकसंग्रह रपाचें सामर्थ्य अशा कितल्याश्याच गुणां खातीर ोकांनी आनी कार्यकर्त्यांनी टिळकाक 'लोकमान्य' ही दवी दिली. तेन्नासावन टिळकाचो उल्लेख सगळे कडेन ोकमान्य टिळक असोच जावपाक लागलो.

**- सं. मं.**

**ळक लक्ष्मीबाई नारायण :** (जल्म : 1868, मरण : 24 फेब्रुवारी 936, नाशिक, महाराष्ट्र).

कोंकणांतली नामनेची कवयित्री आनी लेखिका. तिणें ात्मचरित्र, कविता ह्या दोन साहित्य प्रकारांत ुखेलपणान कार्य केल्लें आसा. मनुताई गोखले हें तिचें ुळारचें नांव. नामनेचो कवी रेव्हरंड नारायण वामन टळक हांचे कडेन 1880 वर्सा तिचें लग्न जालें. टळकान 1885 वर्सा ख्रिस्त धर्म आपणायलो. पूण क्ष्मीबाई टिळक फाटी सरलीं ना. ख्रिस्ती धर्माचेर खरी द्धा बसल्या उपरांत तिणें 1900 वर्सा ख्रिस्ती धर्म ापणायलो. धर्मांतराच्या उपरांत तिची पयली कविता निर्माण जाली. 'ख्रिस्तायन' हे खंडकाव्य तिणें नारायण टळकांच्या मरणा उपरांत 12 वर्सांनी पुराय केलें. ातुंतले एकूण 76 अध्यायापैकी पयले साडे धा नारायण टळकाचे आनी हेर 64 अध्याय लक्ष्मीबाईचे आसात. ुडें तिच्या मरणा उपरांत 'ख्रिस्तायन' च्या अखेरचे 76 वो अध्याय तिचो पूत देवदत्त टिळक हाणें बरोवन ते पुराय केले.

तिची स्फुटकविता 'भरली घागर' (1951) ह्या ांवान प्रसिद्द आसा.

तिणें बरयिल्ल्या 'स्मृतिचित्रे' ह्या आत्मचरित्राक लागून तिचें नांव मराठी साहित्याच्या इतिहासांत गाजलें. तें एकवटेन तिचे आत्मचरित्र आसा. तर दुसरे वटेन तें रे. टिळकाचें चरित्रय आसा. 'स्मृतिचित्रा' चे चार भाग 1934, 1935 आनी 1936 (दोन भाग एकठांय) वर्सा प्रकाशीत जाल्या. स्वता टिळक, बालकवी, मिशनरी अधिकारी आनी तत्कालीन ख्रिस्ती आनी हिंदू समाज हांचे प्रतिबिंत 'स्मृतिचित्रा' त पडलां. शालेय शिक्षणाचे तशे संस्कार लक्ष्मीबाईचेर जाले ना. पूण तातूंत एक अत्यंत सुसंस्कृत साहित्यकृतींत तिची खुबशाजाणांनी गणना केल्ली आसा. ती 1933 वर्सा मराठी ख्रिस्ती साहित्य संमेलनाची अध्यक्षा आनी त्याच वर्सा नाशिकच्या कविसंमेलनाची स्वागताध्यक्षा आशिल्ली.

आचार्य अत्रे हाच्या अध्यक्षतेखाला नाशिक हांगा 1935 त तिचो सत्कार जालो. 'स्मृतिचित्रा' च्या चवथ्या भागांत आनीक णव प्रकरणां बरोवन देवदत्त टिळकान लक्ष्मीबाईच्या मरणा मेरेनचो वृत्तांत दिवन ते पुराय केल्लें आसा.

**- सं. मं.**

**टी. ए. पै मॅनेजमेंट इन्स्टीटयूट - मणिपाल :** कर्नाटकांतली शिक्षण मळा वयली नावाजती संस्था. हिची स्थापना मणिपालांत 1987 त जाली. डॉ. एम. श्रीनिवासन हो तिचो पयलो संचालक आसलो आनी टी. ए. पै तिचो अध्यक्ष आसलो. सुरवेक हे संस्थेचें नांव मणिपाल इन्स्टीटयूट ऑफ मॅनेजमेंट अशें आसलें. टी. ए. पै ह्या संसाराक अंतरल्या उपरांत हे संस्थेचें आदलें नांव बदलून टी. ए. पै हांच्या यादस्तिका खातीर तें टी. ए. पै मॅनेजमेंट इन्स्टीटयूट अशें केलें.

1985 त हे संस्थेच्या संकुलाची पायाभरणी, मणिपालांत तेन्नाचो कर्नाटकाचो मुखेलमंत्री रामकृष्ण हेगडे हाचे हस्तुकीं जाली. 1996 त ॲसोसियेशन ऑफ इंडीयन युनीव्हर्सिटीज (AIU) नवी दिल्ली हाणे हे संस्थेक वेवस्थापन पदव्युत्तर पदविका (PGDM)




अभ्यासक्रम चलोवपाक मान्यताय दिली. आनी हो अभ्यासक्रम विद्यापीठाचे पदव्युत्तर पदवी समान मानलो. 1997, ए. आय. सी. टी. ई. हे राश्ट्रीय अधिकारीणीन हे संस्थेक दक्षीण विभागांतल्या संस्थांतल्या शिक्षकां खातीर क्यू आय पी (QIP) घेवपा खातीरचें मान्यताय दिली. नाक (NAAC) आनी एन. बी. ए. (NBA) नवी दिल्ली ह्या विद्यापीठांची मोलावणी करपी राश्ट्रीय संस्थांनी अनुक्रमान पांच नखेत्री आनी 'अ वर्गी दर्जोहि संस्थेक 2001 त दिलो. 2008 त हे संस्थेक तिच्या आंतरराश्ट्रीय वावरा खातीर एक उत्कृश्ट वेवसाय शिक्षणसंस्था म्हणून तीन वर्गी दर्जो, एज्युयुनिव्हर्सल डॉट. कॉम हे संस्थेन दिलो.

2010 त हे संस्थेन, आशियन इन्स्टीट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट (AIM) मनिला आनी फिलिपायन्स हाचे कडेन विद्यार्थी आनी शिक्षक हांचे मदीं आदान-प्रदान करपाचो सामंजस्य करार (MOU) केलो. 2012 त असोसिएशन टू ॲडवान्स कॉलेजिएट स्कूल ऑफ बिजनेस (AACSB) हे अमेरिकन संस्थेन, शिक्षणांत उंचेलो दर्जोजोडल्या खातीर हे संस्थेक प्रतिश्टेचे आंतरराश्ट्रीय मोलावणी प्रशस्तीपत्र दिलें.

हे संस्थेचो व्याप वाडत राविल्ल्यान आनी शिक्षणीक तशो संशोधनाच्यो कार्यावळी वाडिल्ल्यान संस्थेच्या कारभारा खातीर बेचाळीस एकर सुवातीचेर पातळिल्ल्या नव्या संकुलाची उभारणी करून 2009 त ही संस्था नव्या संकुलांत काम करूंक लागली. 10 डिसेंबर 2010 दिसा ह्या नव्या संकुलाचें तेन्नाची भारताची राश्ट्राध्यक्षा, श्रीमती प्रतिभा पाटील हिच्या हस्तुकीं रीतसर उक्तावण करून हें संकूल राश्ट्राक अर्पण केलें.

श्री. के. के. पै हांच्या निधना उपरांत (2009) मणिपाल विश्वविद्यालयाचो कुलपती, डॉ. रामदास पै हाणे हे संस्थेचें अध्यक्षपद स्विकारलें. सद्याक हे संस्थेचें योगदान देश-विदेशांत घडत आसून हे संस्थेन आपल्या कार्या वरवीं राश्ट्रीय तशें आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार आपलें नांव व्हड केलां.

**- सं. मं.**

**टेंगसे केशव महादेव :** (जल्म: 22 जुलय,1929, लोलयें, काणकोण, मरण :-- ---?)

एक सुटके झुजारी. 1955-56 ह्या काळांत तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटणेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत तो गोंय सुटके सैन्याचो वांगडी जालो. तो सत्याग्रहांक मार्गदर्शन करतालो. तशेंच भूंयगत घातकी वावरांनी वांटो घेतालो. 15 जुलय 1956 ह्या दिसा काणकोणच्या सुपानगुडी पुलीस ठाण्याचेर हल्लो करपांत ताणें वांटो घेतिल्लो. 18 ऑक्टोबर 1956 ह्या दिसा पैंगीण पुलाचेर ताणें स्फोट घडोवन हाडलो.

19 फेब्रुवारी 1957 ह्या दिसा शिरगांव मिनाखणीचेर दुसरे फावट हल्लो केलो. सप्टेंबर 1957 त पुलिसांनी ताका धरलो आनी बंदखणींत घालो. बंदखणींतल्यान सुट्टकच तो परत भूंयगत वावरांनी वांटो घेवंक लागलो. 19 मार्च 1958 ह्या दिसा सुपानगुडी पुलीस ठाण्यालागसार ताणें स्फोट घडोवन हाडलो. 15 ऑगस्ट 1972 दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

**- सं. मं.**

**टेंबेस्वामी :** (जल्म : 1854, माणगांव, रत्नागिरी, मरण : 1914, गुजरात).

कोंकणांतलो आर्विल्ल्या काळांतलो एक दत्तोपासक सत्पुरूश आनी नामनेचो वेदांचो अभ्यासक. ताचें पुराय नांव वासुदेव गणेश टेंबे वा टेंभे. ''वासुदेवानंद सरस्वती'' ह्या नांवानूय ताका वळखतात. ताचें मुळावें शिक्षण, ताचो आजो हरिभट्ट हाच्या हाताखाला जालें. ल्हानपणांतसावन ताका वेदांच्या अध्ययनाची आवड आशिल्ली. ताणें वेगवेगळ्या शाळांतल्यान संस्कृत विषशाचें अध्ययन केलें.

नरसोबाच्या वाडीक गेल्ले कडेन गोविंदस्वामी ह्या सत्पुरूशाच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें दत्ताची उपासना करपाक सुरूवात केली. फुडें ताका परत परत दत्तात्रयाचे साक्षात्कार जावंक लागले. अशें म्हणटात प्रत्यक्ष दत्तात्रेयानूच ताका मंत्रोपदेश दिलो. थंयच ताणे आपलो योगाभ्यास सुरू केलो.

1882 वर्सा ताणें ''चांद्रायण'' हें व्रत केलें. उपरांत माणगांवां ताणें दत्तात्रयाचें देवूळ बांदलें आनी थंयच तो मौनव्रतान रावपाक लागलो. अशीं ताणें सात वर्सा दत्तोपासना केली.



1891 वर्सा यात्रा करता आसतानाच ताचे बायलेक मरण आयलें. तिच्या मरणाच्या तेराव्या दिसा ताणें संन्यास घेतलो आनी परतून तिर्थ यात्रेक सुरवात केली.

तो जंय रावतालो, थंय पुराणां प्रवचनां सांगून लोकांभितर धर्माची जागृताय हाडपाचो यत्न करतालो. ताणें वेगवेगळ्या सुवातीर दत्तमुर्तीची प्रतिशठापना केल्या.

दत्ता उपासनेच्या प्रचारा वांगडा ताणें कांय ग्रंथाचीय निर्मिती केली. ताचे कांय ग्रंथ संस्कृत आनी मराठी भाशेंत आसात. ''श्रीदत्तलीलामृताब्धिसार'' (1903), 'दत्तमालावर्णाकीत माधमाहात्म्य'' (1904), 'श्रीदत्तमाहात्म्य'' (1911), 'प्राकृत मननसार', (1910), 'श्रीदत्तमाहात्म्य' (1911), 'स्त्रीशिक्षा आनी स्त्रीगीते' (1921), 'अज्ञानतिमिरदीपक' (1926) हे ताचे कांय म्हत्वाचें ग्रंथ आसात.

गुजरात राज्यांत गरूडेश्वर गांवांत ताका मरण आयलें. थंयच ताची समाधी आसा. थंय दत्त पादुकांचीय स्थापणूक केल्या. दर वर्सा थंय ताची पुण्यतिथी मनयतात.

**- सं. मं.**

**टोळ :** एक उडपी किडो.ओरथॉप्टेडा गणांतलो लोकस्टिडी (ऑक्रिडिडी) कुळांतलो टोळ हो एक मुखेल उपद्रवी किडो. टोळाचें इंग्लीश नांव 'लोकस्ट' लॅटीन भाशेंत हाचो अर्थ 'जळिल्ली जमीन' असो जाता. टोळधाड पडले उपरांत जमनीची अवतिकाय जळिल्ले जमनीभशेन जाता हें ह्या उतरा वयल्यान सुचीत जाता. व्हड आकाराच्या टोळाक लोकस्ट आनी ल्हान आकाराच्या टोळाक ग्रासहॉपर म्हणटात. ग्रास म्हणजे तण आनी हॉपर म्हणजे उडपी. टोळ तणाचेर उडयो मारीत चलता आशिल्ल्यान ताका हें नांव पडलां. सर्वसादारणतायेन प्रौढ टोळाचो रंग हळडुवो - करडो



आसता आनी लांबाय सुमार 46 ते 60 मि. मी. आसता. धडापरस तकली मोटी आसता आनी टोळाच्या आकारमानान दोळेय मोटे आसतात. पांयांच्यो दोन जोडयो आसल्यो तरीय उडपा खातीर फाटले जोडयेचो उपेग जाता. टोळांचे वजन सुमार दोन ग्राम आसता.

टोळ हो चडसो पिकांच्या रोंपांचेर वावुरता आनी रोंपाचें तण ही ताची खावड आसता. म्हणून ज्या पिकार टोळांचें वास्तव्य आसता त्या पिकाची टोळांकडसून नासाडी जाता. जेन्ना व्हड प्रमाणांत टोळ पिकांचेर घालून घेता तेन्ना ते शेतांतले अख्खें पीक नश्ट करून उडयता. तांचे हे उपद्रवी कृतीक टोळ धाड वा टोळ घुरी म्हणटात आनी ही धाड वा घुरी मानवी धाड वा घुरी इतकीच भिरांकूळ आसता.

- सं. मं.

**ठाकूर, राजा (राम) दत्तात्रेय :** (जल्म : 26 नोव्हेंबर 1923, फोंडाघाट, रत्नागिरी, मरण : 27 जुलय 1975, पुणे)

कोंकणांतलो नामनेचो चित्रपट-दिग्दर्शक, निर्माती आनी संकलक. ताका नाटकांत रस आशिल्लो देखून ताचें मन अभ्यासांत रम नाशिल्लें. ताणें कुडाळ हायस्कुलांत इंग्लीशींत पाचवी मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत 'प्रॉम्प्टर'' म्हण राजापूरकर नाटक मंडळींत तो कामाक लागलो.

मधुकर ठाकूर ह्या ताच्या भावाच्या वळखीन नवयुग चित्रपट संस्थेंत 'एक्स्ट्रा' नट म्हण ताका काम मेळ्ळें. फुडें ताका संकलन विभागांत प्रवेश मेळ्ळो. हे कलेंत ताणें ल्हान वयांत प्राविण्य जोडलें.

कुशल संकलक म्हण अल्पवयांत ताचें बरेंच नांव जालें. साहित्याची ताका जाण आसली. 1953 वर्सा ताणें आपल्या सहकाऱ्यांच्या सहकार्यान 'नवचित्र' ही चित्रपट निर्मिती संस्था चालू केली. हे संस्थेचो 'बोलविता धनी' हो पयलो चित्रपट. ह्या चित्रपटाचें दिग्दर्शन ताणें केलें.

'मी तुळस तुझ्या अंगणी' आनी 'माझं घर माझी माणसं' हे दोन चित्रपट ताणें दिग्दर्शीत केले. हातुंतल्या पयल्या चित्रपटाक राष्ट्रपती पुरस्कार फावो जालो. ह्या चित्रपटाक आर्थिक यश मेळ्ळें ना पूण एक सुबुद्ध आनी कल्पक दिग्दर्शक म्हण राजा ठाकूर हाका लोक वळखूंक लागले.

चिमणराव, गुंड्याभाऊ हे नामनेचे जोडयेचेर ताणें 'घरचं झालं थोडं' हो विनोदी चित्रपट सादर केलो. 1957 ह्या वर्सा 'प्रभात फिल्म कंपनी' लिलावांत विकती घेतिल्ल्या उद्येगपती सं. ह. केळकरान 'गजगौरी' हो पौराणिक चित्रपट 'प्रभात' ह्या नावाखाला काडलो. हाचो दिग्दर्शक राजा ठाकूर आशिल्लो.

उपरांत ताणें 'उतावळा नारद', 'राजामान्य राजश्री', 'पुत्र व्हावा ऐसा' ह्या तीन चित्रपटांचें दिग्दर्शन केलें. पूण ह्या चित्रपटांनी ताका यश मेळ्ळें ना आनी आर्थिक लाबूय जालो ना.

1962 वर्सा 'महाराष्ट्र इंडस्ट्रिअल को- ऑप सोसायटी' खातीर रणजित देसाई हाणें बरयल्लो संगीतप्रधान 'रंगल्या रात्री अशा' हो चित्रपट ताणें दिग्दर्शीत केलो. ह्या चित्रपटाचें कथानक संगीताचे वेगवेगळे पांवडे घेत फुडें वता. लावणी, नाट्यसंगीत, गझल, बिरहन, भजन अश्या सगळ्या थरांच्या रसीकां मेरेन पावपाचे, संगिताचे सगळे ढंग हातूंत आसा. हो

चित्रपट त्या वर्साचो सवोत्तम चित्रपट आशिल्लो आनी आर्थिक नदरेंन तो यशस्वी जालो.

'पाहू रे किती वाट', 'रायगडचा राजबंदी', 'धनंजय', 'संत गोरा कुंभार', 'मुंबईचा जावई', 'एकटी' ह्या ताच्या दिग्दर्शीत चित्रपटांक उत्कृश्ट चित्रपटाचो मान मेळ्ळो. 'उद्धवा अजब तुझे सरकार', 'जावई विकत घेणे आहे', हे मराठी चित्रपट ताणें दिग्दर्शीत केले.

'बिरबल माय ब्रदर' ह्या इंग्लीश चित्रपटा उपरांत 'जखमी' आनी 'रईझस जादा' ह्या दोन हिंदी चित्रपटांचें ताणें दिग्दर्शन केलें. हिंदी चित्रपटांच्या दिग्दर्शना खातीर ताका निमंत्रणां आयलीं. आर्थीक नदरेन थाकाय येवपाचे ते दीस आशिल्ले. पूण वयाच्या 52 व्या वर्सा ताका मरण आयलें.

**- सं. मं.**

**ठाण्यावयलो दिवो :** ठाणें हो शब्द ठाम, स्थान वा ठिकाण हाचे वयल्यान आयला. हिंदीत स्थानाक थाना अशें म्हणटात. वण्टींत वा खांब्यांत चुडो भरिल्ले बायलेच्या हाताच्या आकाराची लांकडी खुंटी आसता. ते खुंटयेक धातुची बरी दाट सरपळी आनी सरपळेच्या सकयल्या पोंताक पांच वा ताचेपरस चड वातिंचो दिवो आसता. हाकाच लामणदिवो म्हणटात. जे सरपळेक हो दिवो हुमकळटा ते सरपळेक आंगभर नक्षीकाम आसता आनी दिव्याचें मालें सरभोंवतणी धुंवपाची वेवस्था आसता.

आदल्या काळांत चार रस्ते जंय एकठांय जातात त्या चौकाक वा गांवांतल्या तशेंच शारांतल्या कांय मुखेल सुवातींक आनी पुलीस वा सरकारी कचेऱ्यांक ठाणें म्हणपाची चाल आशिल्ली. लोकांचे सोयी खातीर असल्या सुवातिंनी रातिच्या वेळार दिवे लावपाची वेवस्था करताले. ह्याय दिव्याक ठाण्यावयलो दिवो म्हणटाले. कांय कडे ठाण्यावयल्या दिव्याक देहली दीप म्हणटात. देहली म्हणल्यार हुमरो. हुमऱ्या कडेन लायिल्लो दिवो म्हणल्यार देहली दीप. हुमऱ्या कडेन लायिल्ल्यान ताचो उजवाड दुसऱ्या कुडींतय फाकूंक पावता.

धार्मीक संबंद आशिल्लो हो दिवो. हिंदू घरांनी, घराचे मध्यवर्ती सुवातिचेर दिवो लावपाची पारंपारीक पद्दत आसा. हो दिवो अशे सुवातेर लायतात, जंयसून हाचो उजवाड सगळे कडेन फांकूंक पावता. आदले घरांचे मांडावळींत चौक मध्यमवर्ती सुवातीर आशिल्ल्यान हो दिवो भोवतेक करून चौकाच्या दारांत लावपाची पद्दत आसताली. हो दिवो तीनसांजचे कातरीर लावपाची प्रथा आसा. घरांत धार्मीक सुवाळो आसल्यार हो दिवो त्या सुवाळ्याच्या वेळारय लायतात.

आदले मुस्तींत घरांत उजवाड येवजणेची सोय सहजतायेन उपलब्ध नाशिल्ल्यान एकाच दिव्यान उजवाड भागोवपाचे येवजणेंतल्यान ह्या मध्यवर्ती दिव्याची कल्पना आयली आसूं येता.

देवाकुडींतलो दिवो, तुळशी कडलो दिवो, लग्नावेळा वयलो शकुन दिवो, घरप्रवेशाच्या वेळार स्थापन केल्लो वास्तू दिवो हांचेभशेनूच ठाण्या वयल्या दिव्याक हिंदू संस्कृतींत व्हड धार्मीक म्हत्व प्राप्त जालां.



आयच्या काळांत विजेच्या दिव्यांची सोय जावन लेगीत भोवतेक हिंदुंच्या घरांनी ठाण्या वयलो दिवो लावपाची पद्दत

आसा. ताका फूल, कुकूम घालपाची पद्दत आसा. हो दिवो फूक मारून वा हाताच्या वाऱ्यान पालोवंचो न्हय जाल्यार तेल सोंपतकच तो आपशींच पालोवंचो असो संकेत आसा.

लग्रा वेळार, न्हवऱ्याक माटवांत घेतांना व्हंकलेचो आवय-बापूय वा यजमान -यजमत्र, ठाण्या वयलो पेट्टो दिवो घेवन येता. उपरांत आवय-बापूय आनी न्हवरो अशी तिगांय दिव्याक धरून सव्या मेरेन वतात. तशेंच दिवाळे दिसा घराच्या चौकांत, पाटार ताट दवरून आनी ताटांत तांदूळ घालून, तांदळाचे राशीर लामणदिवो दवरतात. थंय ताच्यो वाती पेटोवन ताचेर फूल गंध ओंपतात.

सकाळीं काट्टां (कारिटां) फोडलीं म्हणटकच लोक पांय धुंवन घरातं येतात आनी लामणदिव्याक नमस्कार करून फोव खातात. कांय कडेन नमस्कार करतकच ताटांत पयशांचीं नाणीं दवरपाची चाल आसा.

- सं.

**ठाणें (शार) :** महाराष्ट्र राज्याच्या ठाणें जिल्ल्याचें एक मुखेल थळ. आग्रा आनी हैदराबाद वचपी महामार्गार, उल्हास न्हंयेचे खाडयेर अस्तंते कडेन हे शार वसलां. आदीं हे एक नामनेचें बंदर आशिल्लें. मुंबय-ठाणें हो सुमार 32 किमी. चो भारतांतलो पयलो रेल्वेमार्ग ठाण्याक 1853 त सुरू जालो. आदल्या तेंपार शिलाहार, बिंब, यादव ह्या राज्यकर्त्यांनी हांगा राज्य केलां. बिंबाचें सैनिकी ठाणें हांगा आशिल्लें आनी ताका स्थानक म्हणटाले. स्थानक ही उपरांत वाठाराची राजधानी आशिल्ली. स्थानका वयल्यानच ह्या वाठाराक ठाणें नांव पडले अशें म्हणटात. 1318 त मुबारक खिलजी हाणें ह्या थळाचेर जैत मेळयलें. 1532 त पुर्तुगेजांनी तें आपल्या ताब्यांत घेतलें. तांणी हांगा भुईकोट किल्लो बांदलो. 1737 त मराठ्यांनी ह्या किल्याचेर जैत मेळयलें. 1774 त इंग्लिशांनी तो परतो आपल्या ताब्यांत मेळयलो. 1947



ठाणे परिसर

त हो वाठार स्वतंत्र भारतांत आयलो. त्रिंबकजी डेंगळे हाका ह्याच किल्ल्यांत बंदखणींत दवरिल्लो. थंयच्यान मोटे युक्तीन ताणें पळ काडिल्लो. सद्या ह्या किल्ल्याचो उपेग बंदखण म्हणून करतात. ठाण्यासावन सुमार 1.6 कि.मी. अंतराचेर नौपाडाक मनोरूग्णालय आसा. ह्या शारांत बऱ्यांत बरें सुती कापड, कागद, रंग, वस्त्राचीं पातीं, विजेचीं आनी धातुचीं उपकरणां, वखदां, लांकडी खेळणी, गरम कपडे, लोखणी सामान आनी यंत्रां, रेडिओ आदी वस्तू करपाचे कारखाने आसात. तेभायर मराठी ग्रंथ संग्रहालय,पोरणे तळें, कौपीनेश्वराचें देवूळ, रूग्णलयां, माध्यमीक शाळा, एक तंत्रीक विद्यालय, म्हाविद्यालय आनी महाराष्ट्र राज्य मार्ग परिवहन म्हामंडळाचें विभागीय कार्यालय आसा. हांगा केल्ल्या उत्खननांत मध्ययुगांतल्यो मुर्ती, देवळां आनी ताम्रपटय मेळ्ळ्यात.

- सं. मं.

**डफ :** एक चामड्याचें वाद्य. दफ ह्या अरबी उतरा वयल्यान हो शब्द आयलो आसूं येता. भारतांत सगळ्या जरी डफाचो वापर करतात तरी मथुरा-वृंदावनांत ताचो खास वापर आसा. पोवाडो, लावणी ह्या गायन प्रकारांत डफाचो मुखेलपणान वापर



जाता. तमाशांतूय डफाक थंबत्ती म्हणटात. तशेंच पाळांत दंफू, चेन्नईंत खंजिरी, डिंडिम अशींय नांवां आसात.

पाच इंच दाटायेची, चार इंच रूंद आनी सुमार दोन फूट लांब अशे तरेन एक फळी वाटकुळी बागयतात. उपरांत तिचीं दोनूय तोंकां एकमेकांक धरून घट्ट बसयतात. मागीर धातूच्या वाटकुळ्या कांकणाच्या आदारान ह्या बागयिल्ले फळयेच्या एका तोंडार चामडें ताणून बसयतात. खणखणीत आवाज येवंचो म्हण डफ वाजोवंच्या वेळार तो उज्यार शेकयतात. वाजयतना एका हातान हड्ड्याक तेंकून धरून दुसऱ्या हातान वाजयतात.

डफाचो हेर वाद्यां वांगडा साथी वाद्य म्हणून वापर जाता आसलो तरी पोवाडो गायतांना, पोवाडो गावपी कलाकार आनी भजन गायतांना मुसलमान संत, आपल्या गायनाचें ताल-वाद्य म्हणून डफाचें वादन करतात.

- सं. मं.

**डमरू :** एक चामड्याचें वाद्य. डमरू हें शब्दब्रह्याचें प्रतीक. शिवान तांडव नृत्याच्या वेळार ह्या वाद्याची निर्मिती केली अशें म्हणटात. शिवाच्या डमरू नादांतल्यान महेश्वरसुत्रां उद्भवलीं अशें मानतात. वाजयतांना ताच्यांतल्यान डम-डम असो नाद येता जाल्ल्यान ताका डमरू हें नांव पडलां.

संगितशास्त्रांतल्यां तालांचे उगमस्थान डमरूच्या नादांत आसा, अशें संगितशास्त्रज्ञांचे मत आसा. चामड्याचीं सगळीं वाद्यां डमरूंतल्यानूच उत्क्रांत जालीं आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. उदुक्कू, निदुक्कू, बुदबुदक ही डमरूचीच हेर रूपां आसात. कापालिक शैवांच्या हातांत डमरू आसता. डमरूचें लक्षण संगित रत्नाकरांत दिलां तें अशें -

**वितस्तिमात्रदैर्ध्य : स्यादष्टाङ्गुलमुखद्वय।**<br>
**यो यस्य मण्डलीयुक्ते मुंखे बद्धे च चर्मणा।**<br>
**त्रिवलीवत्क्षाममध्यो निबद्ध :सूत्रदोरकै:।**<br>
**मध्ये च गाटतां नीतायवज्ज्न्यौ वादनाय च॥**<br>
**भवेतां प्रान्तसंलग्रसनुन्मदनगौलकै:।**<br>
**असौ डमरूको मध्ये धृत्वा हस्तद्वयेन च॥**<br>
**डधटवर्णोवादनीय : प्रोक्तो ज्ञि:शङ्.कसूरिणा॥**<br>
**अन्यै:कखंरटो वर्णा: पोक्ता डमरूकेऽधिका॥**

**अर्थ :** वेतभर लांब आशिल्ल्या ह्या वाद्याच्या तोंडाचो व्यास दोनूय वटांनी आठ-आठ आगळां आसता. दोनूय गोलकार तोंडांचेर लोखणी कडीं बसोवन तांचेर चामडें ताणून बसयल्लें आसता. डमरूचो मध्यभाग अशीर आसता. दोनूय तोंडाचेर चडयिल्ल्या



चामड्याच्या कडांतल्यान ओंवून घेतिल्ल्या सुताचे दोरयेच्या वेड्यांक मध्यभागार दुसरे एके दोरयेन आंवळून बांदिल्लो आसता. मध्यभागाचेर दोन लांबत्यो दोरयो बांदून तांच्या तोंकांक माती आनी मेण हांचे गुळे बांदतात.अशा ह्या डमरूचो अशीर भाग हातांत धरून 'ड्घ' वर्ण वाजोवंचो अशें नि:शंक पूर्वाचार्यान म्हळां. 'कख' वा 'रट' अशें वर्ण वाजोवंचे अशेंय कांय जाणांचें मत आसा.

हाताच्या चपक्यांत डमरू धरून हात वयर उबारून, डमरूक दाव्या - उजव्यान झेलोवचें (हालोवचें) आसता. अशे कृतीन डमरूक दोरयेन बांदिल्ल्या गुळ्यांचो डमरूच्या चामड्यार आघात जावन तातूंतल्यान नाद निर्माण जाता. हातांतलें डमरू झेलोवपाच्या चड-उणे गतींतल्यान तिव्र आनी कोमल नाद निर्माण जावन ह्या वाद्यांतल्यान एक आगळेंच वाद्य संगीत आयकूंक मेळटा. तोंडांत म्हणपी पदाचे लयीक फावसारकी गावपी ह्या वाद्याची साथ आपले कळाशेन दिता. गायन करपी गायक स्वताच हें वाद्य वाजयता. भैरवाचे उपासक आशिल्ले महाराष्ट्रांतले भराडी दाव्या हातान डमरू धरून उजव्या हाताच्या बोटांनी ताचेर आघात करून वाजयता. नेपाळांत डमरूचे (डफू) साथीन डंफूनाच करतात.

**- सं. मं.**



**डॉ. प्रफुल्ला डहाणूकर आपले एके चित्रकृती वांगड**

**डहाणुकर, प्रफुल्ला :** (जल्म : 1934, बांदोडें - फोंडें)

नामनेची गोंयकार चित्रकार. पिरायेच्या चवथ्या वर्सा शिक्षणा खातीर तिका मुंबय धाडली. मुंबयच्या शारदा इंग्लीश हायस्कुलांत तिणें मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत 1950 त तिणें जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हे संस्थेंत कलेचें शिक्षण घेतलें. ही कला आत्मसात करपाक तिका शंकर पळशीकर ह्या शिक्षकाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. 1954 वर्सा तिणें आर्ट स्कुलांतलें शिक्षण पुराय केलें आनी त्या वर्साचें तिका भांगरापदक मेळ्ळें.

पदविका हातांत पडले उपरांत तिणें मुंबयंतच आर्ट सोसायटींत आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन घडोवन हाडलें. ह्या प्रदर्शना वेळार तिका रूप्या पदक मेळ्ळें. 1960 वर्सा तिका फ्रॅंच सरकाराची मुद्राचित्रकलेची शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. शिश्यवृत्ती घेवन ती फ्रांसाक गेली. फ्रांसांतले 'एकोल द वो आर्ट्स ॲड ओटलियर' हांगा तिणें ग्राफिक आर्टाचें शिक्षण घेतलें.

1961 वर्सा फ्रांसांत तिणें आपल्या रंगीत चित्रांचे प्रदर्शन घडोवन हाडलें. उपरां हंगेरी, स्वित्झर्लंड, जर्मनी, ऑस्ट्रेलिया आनी जपानांत जाल्ल्या प्रदर्शनांनी तिणे वांटो घेतलो. भारतांत मुंबयची गॅलरी ऑफ मॉडर्न आर्ट, दिल्लीची ललीत कला अकादमी, मुंबयचें प्रिन्स ऑफ

ेल्स म्युझियम, नागपूरचें केंद्रीय म्युझियम आनी हेर पाबार सुवातींनी भरिल्ल्या प्रदर्शनांनी तिणें आपलीं चित्रां ्रदर्शीत केलीं.

तिणें धातूकलेची आनी मृत्तिका कलेचीय साधना केली. तशेंच जायत्या माध्यमांच्या आदारान 'कोलाज' ्रा प्रकारांत मोडपी वण्टीचित्रां तिणें तयार केल्यांत. चेत्रकलेच्या जायत्या माध्यमांतल्या सिरॅमिक ह्या ाध्यमाचेर तिचो खास अभ्यास आसा. ती लाकूड, कंवची, ॲल्युमिनियम हांचो मिश्र प्रयोग करून ण्टीचित्रां करता. तिका नाटक, टेबलटॅनीस, सतार, रतकाम आनी शास्त्रीय संगीत हांची आवड आसा. ोंयचे कला अकादमीचेर तिणे सल्लागार म्हणून काम करून गोंयचे कलेचे उदरगती खातीर योगदान दिलां.

- **सं. मं.**

**डायस, आयवन :** हो मूळचो वेळसांव साश्टीचो. घाना, टोगो, बेमीन (वॅस्ट आफ्रिका) ह्या राश्ट्रांतलो आपोस्तोलीक प्रो - युन्सीओ. 1958 वर्सा तो धर्मप्रचारक जालो आनी 1982 वर्सा तो आर्चबिशप जालो. चीन आफ्रिकन ाश्ट्रांच्या दुतावसां कडेन संलग्न आशिल्ल्या व्हॅटिकन ाजनितीक दळांत ताणें सक्रिय वावर केलो.

- **सं. मं.**

**डायस आलेक्स :** (जल्म :कळंगूट). पोर्टब्लॅरचो पयलो बेशप. पिलारचे 'ऑफ इंडिया मिशन सेमिनारी' हातूंत ाणें धार्मीक शिक्षण घेतलें. आनी 1969 वर्सा तो पाद्री ालो. पिलार संस्थेचो तो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 1985 वर्सा तो बिशप जालो. अंदमान आनी निकोबार ुंव्या वयल्या नव्यान उबारणी केल्ल्या पोर्टब्लॅर डायोसीसचो तो कार्यकारी वांगडी आशिल्लो.

- **सं. मं.**

**डायस ज्योकीं :** (जल्म : 12 मे 1920, कुकळ्ळी साश्ट)

गोंयचो सुटके झुजारी. ताणें बि. ए. एलएल. बी मेरेन शिक्षण घेतलें. विद्यार्थी जीवनापासून ताणें भारतीय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतलो. विद्यार्थी जिवीतांत ताका जायते खेपे बंदखणींत वचचें पडलें. ताचो 'प्रजामंडळा' कडेन लागींचो संबंद आसलो. तो गोवन यूथ लिगाचो 1943 ते 1961, ही संस्था विसर्जीत जायमेरेन अध्यक्ष आसलो.

पुण्यांत तो महात्मा गांधीच्या सहवासांत आयलो आनी गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्या खातीर ताचे कडल्यान ताणें आशिर्वाद घेतलो.1946 त तो बेर्ता मिनेझिसा वांगडा पंडित नेहरुक मेळून ताचे कडल्यान गोंया संबंदान निवेदन घेतलें, जाका देशभर प्रसिद्धी मेळ्ळी. डॉ. जुलियांव मिनेझीस हाच्या 'गोमंतक' ह्या इंग्लीश साताळ्याचो तो सहसंपादक आसलो.

डॉ. टी. बी. कुन्हाक 'गोंया भितर नागरी स्वातंत्र्य' ह्या विशयाचेर उलोवप दिवपाक आपयलो. तें उलोवप उपरांत गोवन यूथ लिगान छापलें. लोकांमदीं राजकीय जागृताय हाडूंक ताणें सभा घेतल्यो आनी मिरवणुको काडल्यो.

- **सं. मं.**

**डायस व्हिसेंत द रूझारियु :** (जल्म :राय, मरण : 1842).

गोंयचो धर्मप्रचारक. सुरवातेक तो गोंयच्या सेंट फिलीप नेरी चे प्रवचन सभेंत वावर करूंक लागलो. उपरांत ताणें श्रीलंकेक धर्मप्रचारक म्हण जायतीं वर्सां वावर केलो.

फुडें 1833 ते 1837 ह्या काळांत तो थंयचो व्हिकार जनरल जालो. 1837 त ताका पोप ग्रॅगरी सोळावो हाणें श्रीलंकेचो पयलो व्हिकार आपोस्तोलिक म्हण नेमलो.

- **सं. मं.**

**डाळिंब :** (मराठी : डाळिंब, हिंदी : आर, गुजराती : दादाम, कन्नड : डाळिबंद हण्णू, संस्कृत : दाडिम, इंग्लीश : पोमग्रॅनेट, लॅटीन : प्युनिका ग्रॅनॅटम, कूळ : प्युनिकेसी)

एक फळ वनस्पत. ही वनस्पत 5 ते 10 मी. ऊंच वाडटा. पानां सादीं 2 ते 8 सेंमी. लांब, एकामेकां सामकार झुपक्यांनी येतात. तरणीं आसतना पानां तांबशीं



आसतात जाल्यार जून जातकच पाचवीं जातात. फुलां एकसुरीं, जोडयेन वा घोसांनी येतात. तीं व्हड आनी तांबडीगूंज आसतात. डाळींबाचे जायते प्रकार आसात. तातुंतले कांय म्हत्वाचे म्हणजे : आळंदी, बेदाना, धोलका, काबुल, खंडा री, पेपर रोल, पूना स्पॅनीश रबी, वेलाडु. डाळींबाच्यो कांय सुदारीत जाती आसात. त्यो अश्यो : गणेश, मस्कत, ज्योती, जी - 137, जी. के. व्ही. के. -1, कोईमुत्तूर - 1, पी-23, पी-26.

डाळींबाची लागवड सुक्या हवामानांत बरी जाता. ह्या पिकाक मध्यम काळी जमीन मानवता. डाळींबाची लागवड बियांपसून करपाक जाता. पूण कलमापासून लागवड केल्यार उत्पन्न चड आनी बेगीन मेळटा.

फळाची साल मातशी हळडुवी जाली की फळ काडपाक तयार जालें अशें समजुचें. एका झाडापसून सरासरीं 100 ते 150 फळां मेळटात. डाळींबाचें झ
20 ते 30 वर्सा मेरेन उत्पन्न दिता.

भारतांत महाराष्ट्र, आंध्रप्रदेश, उत्तर प्रदेश, हिमाच प्रदेश, तमीळनाडू, कर्नाटक आनी कोंकण वाठार डाळींबाची लागवड करतात.

डाळींब हें गोड, पुश्टीक आनी वखदी फळ. जेवल उपरांत मुखशुद्धी खातीर ह्या फळाच्यो बोयो खात डाळींबाच्या झाडाचीं फळां, फुलां, पानां, साल, मूळ भागांचो वखदी उपेग जाता. फळांनी चड प्रमाणांत जीवनसत्व आसता. खोंकलेचेर फळाचे सालीचो वापरतात. तेचपरी फळाची साल अतीसार आनी मोड हांचेर उपेगी पडटा. फुलांचो रस घेतल्यार ओंकरो थांब हे शक्त दिवपी, वजन वाडोवपी, दोळ्यांक थाव दिवपी अशें फळ. फुलांच्या रंगाचो कपडयांक दिवपाक वापर करतात. वखदी उपचार करचे पय जाणकारांचो सल्लो घेवचो.

- सं.

**डिसौजा, जुआंव इनास :** (जल्म : 191 म्हापशें, मरण : जून 2012, म्हापशें).

एक ज्येश्ठ कोंकणी लेखक. ताणें रोमी लिपयेंतल् कोंकणी साहित्य बरोवपांत मोलाचो वावर केला. त खूब ल्हान पिरायेचेर बरोवंक सुरवात केल्ली.

'गोंयचो परमळ' ह्या नेमाळ्याचो तो संपा आशिल्लो.

'सत उलय', 'द गोवन मेल', 'आवे मारिया', गोवा टायम्स','गोवन एक्सप्रॅस', 'वावराड 'वावराड्यांचो इश्ट', 'सोत', 'दिवटी', 'उजवाड', ' गोंय', 'गोंयचो आवाज', 'गुलाब' आदीं नेमाळ्यां ताचें बरोवप उजवाडाक आयलां.

ताणें सुमार 33 कादंबऱ्यो बरयल्यात. 'व्हक नोव्हऱ्याक मारलो', 'झिंगारो', 'कोण ती अस्तु

मारियेता', 'मोगाचो नाच', 'पातकांचें फारीकपण', मागदालेन जिवंत जालें', 'दळडिरो पूत', 'जेरिनी आल्कांत्रा', 'मोव्हाल्यांक फितुर', 'जाती भायर हजार', 'बेमोरयादीक अस्तुरी', 'आफ्रिकेंतली गिरेस्तकाय', 'आवे मारिया', 'मोगाचीं कोवतां', 'मोगाचें हजार', पावलिनाचें नशीब', 'फार्सान मोग....', 'सपन', शेपायची गिरेस्तकाय', 'पातकी आंतोनेत', बेल्या शाराची वाट' आदीं कादंबऱ्यो आसात.

2009 वर्सा ताका दल्गाद कोंकणी अकादमीचो जेवन गौरव पुरस्कार फावो जाल्लो.

**- सं. मं.**

**डुकळे, माधव चंद्रोबा :** जल्म : 1825, कळंगूट, गोंय, मरण : 1885).

आदल्या काळांतलो एक संपादक आनी प्रकाशक. मुंबयंत ताचो वखदां विकपाचो आनी छाया चित्रणाचो व्यवसाय आसलो.

1860 वर्सा ताणें पुर्विल्ल्या कवींच्या कवितांचें सर्वसंग्रह' हें म्हयन्याळें सुरू केलें. पुर्विल्ल्या कवींच्यो साहित्यकृती उजवाडावन भास निवळावपाच्या हेतान सर्वसंग्रहाचो वावर चलतालो. ह्या मासिकाच्या संपादनांत ताका नवनीतकार परशुराम (तात्या) गोडबोले, बाळ गंगेश्वर पाध्ये आनी ताचो भाव अनंत चंद्रोबा हांचें सहकार्य मेळ्ळें. पुर्विल्ल्या कवींच्यो मराठी कविता छापतना विरामचिन्नांचो उपेग करपाची चाल सर्वसंग्रहान सुरू केली. पुर्विल्ले मराठीची वळख करून दिता आसतना त्या कवितांचो अभ्यास करपाची गोडी ह्या मासिकान निर्माण केली. ह्या मासिकांत आर्यभारत, मंत्रभागवत, मादालसोपाख्यान, ब्रह्मोत्तरखंड आदी मोरोपंताची काव्यां, तशेंच मुक्तेश्वरी, भारताचीं तीन पर्वां आदी कवितांचो आसपाव जाता.

माधवान संपादीक केल्ल्या ग्रंथांत नामदेवकृत बालक्रीडा, अभंग (1862), तुकारामकृत अभंग 1866), मुक्तेश्वर विराट पर्व (1867), रामदासकृत अभंग (1868) हांचो आसपाव आसा. कृष्णशास्त्री पेंडसे, आवासकर हांच्या आदारान ताणें शब्दरत्नाकर वा संस्कृत आनी प्राकृत शब्दकोश (1870) तयार केलो. त्या काळांतल्या संस्कृत-प्राकृत कोशांत हो शब्दकोश सगळ्यातं व्हडलो. वैजकी शास्त्रांतल्या पारिभाशीक शब्दांची विस्कटावणी ह्या कोशांत विस्तारान केल्या.

**- सं. मं.**

**डोब :** एक चर्मवाद्य. अवनद्ध वाद्यांतलें एक व्हड वाद्य. हाचो आकारा उलटे घांटी सारको आसता. 90-100 सें.मि. उंचाय आनी 100-110 रूंदाय (घेर) आशिल्ल्या ह्या वाद्याच्या तोंडार गाय, पाडो, बोकडो अशा जनावरांचें कमायल्लें चामडें बसयता. हें चामडें डोबाच्या तोंडार ताणून उरपा खातीर ताका बांदिल्ल्या दोरयांनी तें डोबाच्या आंगार आशिल्ल्या आंट्याक चयात्यावरवीं (स्क्रू वेवस्था) ओडून घट करता. डोबाचो नाद बरो येवचेखातीर चामड्याक वेगवेगळ्यां जिन्नसांच्या मिश्रणाचेर प्रक्रिया केल्लो बॉण (लेप) लायता. डोबाचो सकलो भाग घांटिच्या वयल्या तोंकासारको वाटकुळो आशिल्ल्यान, वाजयतांना ताका स्थीरताय येवची म्हणून डोबा पोंदा निवणें, वा चुंबळ दवरता. हालिंच्या काळांत धातुची बसका करून ताचेर डब थिरायतात.

आदल्या काळांत झाडा-खोड कोंरातून केल्ले लाकडी डोब आसताले. आतां पंचलेयी (पांच धातुंचे) डोब करतात.

डोब हें आदल्या दुदुंभी ह्या चर्म-वाद्याचें आयचें रूप. ताका नगारोय म्हणटात. आदल्या काळांत, व्हड आवाज काडपी ह्या वाद्याचो वापर पयस संदेश पावोवपाक आनी झुजाऱ्यांच्या आंगांत विरश्रीचो संचार (चैतन्य) हाडपाक जातालो.

डोब हें एकोडें वाजोवपाचें वा दुसऱ्या खंयच्या वाद्याक वा गायनाक वा नाचाक साथ दिवपाचें वाद्य न्ही. डोब वादनांत डोब हें मुखेल वाद्य आसता आनी ताका

साथ दिवपी तासो, शामेळ, कांसाळें, जघांट हीं साथी वाद्यां आसता.

डोब वादनाचो मुखेल अशो तीन पद्धती आसात. 1) उडटें वादन 2) सुंवारी वादन आनी 3) रोमटवादन. डोब वादन हें मुखेलपणान शिगम्याची होळी, धुळवड, गडे-पडणी अशा विधीं वेळार वाजयतात.

गोंयांत, सर्वेश चंद्रकांत भोंसले हाणे 'डोब एक लोकवाद्य' ह्या नांवांन डोब ह्या वाद्याची सविस्तर शास्त्रीय म्हायती दिल्लें पुस्तक बरयलां.

\- **सं.**

**तन्त्र : पळयात → वरण**

**तबलें :** एक चर्मवाद्य. भारतीय संगितांत साथ संगती खातीर आनी स्वतंत्र वादना खातीर उपेगाक पडपी एक तालवाद्यांची जोडी. उजव्या हातान वाजयतात त्या वाद्याक 'तबलें' म्हणटात. दाव्या हातान वाजयतात त्या वाद्याक 'डग्गो' म्हणटात. डग्या
उपेग 'खर्ज' आवाज काडपा खातीर आनी तबल्या
उपेग उंचेलो आवाज काडपा खातीर करतात.

तबलें ह्या वाद्याचें मूळ 'तब्ल' ह्या वाद्यांत आस
अशें म्हणटात. इब्न खुर्दाद बिह ह्या इतिहासकाराच
मतान ताचे निर्मितीचो मान 'तबल बी लमक' ह्या अर
कलाकाराक फावता. हें वाद्य मोगलांनी भारतांत हाड
अशें म्हणटात. 1216 ते 1316 ह्या सुमाराक मृदं
पखवाजावरी 'तींत' (शाई) उपेगांत येतकच तबल्य
म्हत्वाच्यो सुदारणा जाल्यो. 'ख्याल' आ
टप्प्यासारक्या संगीत रचणुकां वांगडा साथी खातीर ता
उपेग जावंक लागले. स्वरबद्ध गायकी, वादन आ
कथ्थक नाचाक तबल्याच्या ठेक्याची आनी लयेची गर
आसता. तबल्याचें सुदारणेचें स्त्रय चडशें अमीर खुसरौ
फाव जाता. ह्या वाद्याचो मूळ जनक म्हणून सुधारर
घाडी हाचेंय नांव घेतात. पूण ते विशीं फाव तो पुरा
मेळना.

खैर, शिशें, बाभूळ, चींच आदी झाडांच
लांकडापसून तबलें तयार करतात. तोंडा कडेन मात
अशीर आशिल्लें, नळकांडयेच
आकाराचें लांकूड घेवन भितल
वटेन कोरांतून घेतात. 'डग
तांब्याचो, पितुळचो वा केन्न
मातयेचो आसून घुमत
आकृतायेचो आसता आनी ता
तोंड तबल्याच्या आकारापरस
आसता. डग्याच्या आ
तबल्याच्या तोंडार बोकड्यां
चामडें ताणून बसयतात.
चामड्या भोंवतणी दोट्टी
(चाट) लायतात. ताचे व
चामड्याचे वादयेची विणिल
कड लायतात. ह्या सगळ्यां



भजनातली तबल्याची साथ



डग्गो आनी तबलें

ळून 'पुडी' म्हणटात. तबल्याच्या आनी डग्याच्या ड्याच्या मदल्या भागार तींत (लोखणाचो कीस, काळें तेल आनी भात हांचें मिश्रण) घोंटून वांटकुळो थर दितात. ड्यांतल्यान विणिल्ली वादी तळाच्या कड्यांतल्यान ोंडा भोंवतणी ओडून घेतात. तबल्याचे वादयेंत जे ांकडी फाळके (गठ्ठे) घालतात, ते जाय तेन्ना सकयल वयर करून आनी विणयेचे कडेचेर तुतयो मारून गायन ादनाच्या स्वरा कडेन ताचो सूर मेळयतात.

वादन शैलीप्रमाण तबल्यांची वेगवेगळीं घराणीं ारायल्लीं आसात. तातुंतलें 'दिल्ली' हें पुर्विल्लें घराणें बंद बाज' आनी 'खुला बाज' ह्यो ह्या घराण्याच्यो मूळ ंकल्पना आसात. 'बंद बाज' वा 'चाँटी की बाज' ह्या कारांत चाट आनी तिंता वयलो आघात स्वतंत्र बोटांनी रतात. दिल्ली, अजराडा, बनारस हीं ह्या प्रकारांतलीं राणीं आसात. 'खुला बाज' वा 'पुरब बाज' (दिल्लीचे देंते कडलीं घराणीं) प्रकारातं चाट आनी तींत हांचे दल्या भागार (लवेचेर) हाताच्या तळव्यान वा बोटां कठांय हाडून आघात करतात. ताचेर पखवाजाचे वादन ैलीची सया दिसून येता. सणसणीत आवाज हें ताचें ्राशेलेपण. लखनौ, फरूखाबाद, मेरठ आनी पंजाब हीं ा प्रकारांतलीं घराणीं आसात.

दिल्ली घराण्याचो उस्ताद नथ्थू खाँ, गामेखाँ, अजराड्याचो उत्साद हबीब उद्दीनखाँ, लखनौचो ताजिद हुसेनखाँ, फरूखाबादचो उस्ताद मुनीरखाँ, अहमदजान थिरकवा, अमीर हुसेनखाँ, बनारसचो पंडीत रामसहाय, बिरू मिश्र, पंडीत सामताप्रसाद मिश्र, पंजाबचो उस्ताद कादिर बक्ष अशे कांय नामनेचे तबलावादक आसात. अल्लारखाँ ह्या नामनेच्या तबलावादकाचो चलो झाकीर हुसेन खाँ हाणें सद्या तबला वादनांत आंतरराष्ट्रीय नामना मेळयल्या.

हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगीत, उपशास्त्रीय संगिताचें साथी-वाद्य म्हणून तबल्याचो मुखेलपणान उपेग जाता. तेभायर तबल्याचें स्वतंत्र अशें वाद्य संगीतय जाता.

कोंकणांत जावपी संगीत नाटकांनी हार्मोनियम आनी तबलें हीं मुखेल वाद्यां आसात. ह्यां नाटकांतल्या नाट्यगितांच्या संगिता खातीर तबलें हें वाद्य अपर्यायी आसता.

- सं.

**तंबाकू** : (मराठी : तंबाखू, हिंदी, गुजराती, बंगाली : तमाकू, कन्नड : होगेसोप्पू, इंग्लीश : टोबॅको, लॅटीन : निकोटियाना टाबॅकम आनी निकोटियाना रस्टिका, कूळ : सोलॅनसी)

एक सेवनपानी वनस्पत. हिचें दोन प्रकार आसात. 1) निकोटियाना टाबॅकम आनी 2) निकोटियाना रस्टिका. टाबॅकम ह्या प्रकारच्या तंबाकुचें रोंप एक वर्सभर जगता तें 1-3 मी. वाडटा. ताचीं पानां सुमार 1 मी. लांबायेचीं आसतात. ह्या रोपांक लेव तांबडी वा धवीं फुलां फुलतात आनी 15.20 मि.मी. व्यासाचीं वाटकुळीं फळां लागतात. रस्टिका प्रकारचा तंबाकुचें रोंप 0.5 ते 1.5 मी.ऊंच वाडटा. पानांची लांबाय 30 सें.मी. जाल्यार रूंदाय 20 सें.मी. आसता. फुलां हळडुवीं 1.2 ते 1.5 सें.मि. लांब, फळ वाटकुळें 7.16 मि.मी. व्यासाचें, भितरल्यो बियो 0.7 ते 1.1 मि.मी. व्यासाच्यो आनी तपकिरी रंगाच्यो आसतात.

तज्ञांच्या मतान तंबाकुचो उगम अमेरिकेक जालो



तंबाकू चुरो

आसूंक जाय. बाराव्या शेंकड्यांत आशिया खंडांत तंबाकुचो वापर करताले म्हणपाचें उल्लेख सांपडटात.

तयार केल्ल्या तंबाकुचे कांय प्रकार आसात ते अशे : सिगार तंबाकू, जत्ती (जाती) तंबाकू, मोतीहारी तंबाकू, हुक्का तंबाकू, विडी तंबाकू, चिरूट तंबाकू आनी खावपाचो तंबाकू, तंबाकुच्यो कितल्योश्योच जाती आसात. बोहरी (बोन्हरी), चुरीया, कवनिया (कोन्रिया), देशला, पुरबी, नाकी (नोकी), काका (कक्का), घोरा, गिद्री, गोभी, पचकड (पुचक्कड).

तंबाकुच्या त्या त्या प्रकाराचेर जमनीची निवड करतात. देखीक - विडी तंबाकू खातीर हलकी जमीन चलता, जाल्यार सिगार तंबाकुची लागवड करपा खातीर सुपीक जमनीची गरज आसता.

विडी तंबाकूक तयार जावपाक सुमार 140 दीस लागतात. जाल्यार चिरूट तंबाकू 90-100 दिसांनी तयार जाता. तंबाकुचें उत्पन्न हें जातीचेर आदारून आसता. तंबाकुचीं पानां जशीं जशीं सुकतात तशीं तशीं तीं काडटात. तंबाकुचीं पानां काडटकच तांचेर वेगवेगळ्यो प्रक्रिया करून तरेकवार तंबाकू तयार करतात.

भारतांत तंबाकू आदल्या तेंपार सावन पिकयतात. रामायणा सारक्या पुराणीक ग्रंथांनी तंबाकुचो उल्लेख मेळटा. पूण भारतांत पुर्तुगेज लोकांनी ह्या पिकाचो व्हड प्रमाणांत प्रसार केलो. भारतांत आंध्र प्रदेश, उत्तर प्रदे ओरिसा, कर्नाटक, गुजरात, कर्नाटक, महाराष्ट्र, कोंक वाठारांनी तंबाकुची व्हड प्रमाणांत लागवड जाता.

**उपेग :** तंबाकू पासून वेगवेगळे पदार्थ तयार करता तंबाकुचो वापर सिगार, विडी, चिरूट, हुक्को, चिल हातूंत करतात. खावपाच्या पानांनीय कांय लो तंबाकुचो वापर करतात. दांत घांसपा खातीरय तंबाकु वापर करतात. तंबाकुच्या उदकाचो कीडनाशक म्हण वापर करतात. बियांपसून तेल काडटात आनी हें ते खावपाक वा रंग तयार करपाक वापरतात. तेल काडून पेंड उरता ती गोरवांक खावड म्हणून वापरतात. तशीच पेण शेताक सारें म्हणून वापरतात.

तंबाकूंत 'निकोटीन' हो विखारी पदार्थ आसता. ता लागून तंबाकू खावप जावं ओडप हें भलायके अपायकारक आसता. तंबाकू ओडप्यांक आ खावप्यांक तोंडाचो कॅन्सर जावपाची शक्यताय च आसता अशें वैजकी शास्त्र सांगता.

संसारांतल्या जायत्यां प्रदेशांनी तंबाकू सेवन हें ए तरेचें वायट व्यसन मानलां. ताच्या सेवनाखात थारावीक पिरायेची अट घाल्या. सार्वजनीक सुवाति तशें धार्मीक थळांनी तंबाकूपासून तयार केल्ले पद (विडी-सिगार) सेवन करपाचेर बंदी घालपी का जाल्यात. तंबाकुपासून तयार केल्ले सिगरेटीचेर, 'सिग ओडप भलायकेक मारक आसा' अशा उतरांनी धोक्या सुचोवणी बरोवपाचें सिगरेट निर्मात्यांचेर बंधनका आसा. जाण्ट्यांमुखार भुरग्यांनी तंबाकू सेवन करप कोंकणांत अशिश्टपण मानतात.

- सं.

**तंबुरो :** एक तंतुवाद्य. भारती संगीत पद्दतींत गायन वादन आदारस्वरा खातीर ह्या वाद्याचो उपेग करतात. 'तुंब' तंबुरे ह्या शब्दापासून तंबुरो हें नांव आयलां आसुंये. ता 'तानपुरो', तंबोरो' हीं हेर नांवाय आसात. पुर्विल्ल



ग्रंथांत ह्या वाद्याक 'तुंबरू वीणा' अशें नांव दिल्लें आसा. तुंब म्हणजे दुदी तंबुऱ्याक दुदयाचो वापर करता जाल्ल्यान ह्या वाद्याक तंबुरो, तंबोरो अशें नांव पडलां आसूं येता. तानपुरो हें नांव तान म्हणजे 'तंतू' आनी तान म्हणजे 'सूर' ह्यां उतरांक धरून आसा. तंबुऱ्याक धातुचे तंतू (बारीक सरयो) स्वर काडपा खातीर वापरतात आनी ह्यो सरयो ताणले उपरांत 'सूर' येता.

9 व्या शतमाना उपरांत हें वाद्य वापरांत आयलां आसुंये अशें जाणकारांचे मत आसा. तंबुरो ह्या वाद्याचे मुखेल भाग अशे : तंबुऱ्याची बसका अर्द वाटकुळ्या आकाराची लांकडी (तंजावर पद्दत), वा कापिल्लो अर्द दुदी आसता. तंबुऱ्याचे बसकेक लांकडी दाणी बसयतात. हे दाणयेची एक वट सपाट आसता. दाणयेच्या वयल्या तोंका कडेन सरयो बसोवपा खातीर हस्तीदंताच्यो दोन अटी एक-एक बोट अंतराचेर बसयता. दाणयेच्या वयल्या तोंका कडेन तारो लावपा खातीर दोन खुंटयो बसयतात. हाका जोडाच्यो खुंटयो म्हणटात. दाणयेच्या दोनूय वटांनी तशेंच तरेची आनीक एक खुंटी बसयता. तातूंतले एकेक पंचमाची आनी दुसरेक खर्जाची खुंटी म्हणटात. बसकेच्या मदल्या भागार हस्तिदंती वा रक्तचंदनाचीं दोन बोटा उंच आनी तीन बोटां रूंद अशी एक घोडी आसता. हे घोडयेक सरयो बसोवपा खातीर खांची आसतात. बसकेच्या मुळांत मदीं चार बोटां लांब आनी बोटभर रूंद अशीं तारदार नांवाची हस्तदंती पट्टी बसयतात. हे पट्टेक चार बुराक आसतात. तातूंत मणयांच्या आदारान सरयो गुथून त्यो घोडये वयल्यान दांडयेच्या तोंकाक आशिल्ले अटीक परत गुथून त्या खुट्याक गुठलायता.

तंबोऱ्याक चार सरयो आसता. तातूंतल्या मदल्या दोन सरयांक जोडाच्यो सरयो म्हणटात. त्यो तिख्याच्यो आसून सारकेच रूंदायेच्यो आसतात. आवाज गोड येवपा खातीर घोडयेचेर सरये सकयल थोडो पिंजिल्लो कापूस घालता. ताका जव्हारी अशें म्हणटात. दरेक सरयेचे बसकेचेर एक एक मणी गुंथिल्लो आसता. तो तारदार आनी घोडयेमदीं सकयल वयर करतकच स्वर जाय तसो चड उणो करूं येता. तंजावर प्रकाराच्या तंबोऱ्यांत सोप्या स्वरमेलना खातीर सरकटपी घोडी वापरता.

तंबोरो उबो ना जाल्यार आडवो दवरून वाजयतात. वादक्रमा प्रमाण पयली सरी पंचमाची, चंमवर्ज्य रागा खातीर मध्यमाचीं निशादाची आसता. दुसरी आनी तिसरी षड्जाची आनी चवथी मंद षड्जाची आसता. मदल्या बोटान पयली सरी आनी तर्जनीन बाकीच्यो सरयो छेडतात.

शास्त्रीय गायन करपी गायकाक स्वरांची साथ दिवपाक ह्या वाद्याचो बरो उपेग जाता. कांय गायक बांबुच्या वा नाल्लाच्या ल्हान कुडक्यान सरयो दाबून विणेवरी तंबूरो वाजयतात. दक्षिण भारतांत अशा वाद्याक 'कोट्टू-वाद्यम' वा 'बालसरस्वती' म्हणटात.

मिरज रामपूर, लखनौ, तंजावर, थिरूवनंथपुरम, म्हैसूर हीं ह्या वाद्याचीं मुखेल निर्मीती केंद्रा आसात.

- सं. मं.

**तमाशा :** महाराष्ट्रांतलो पारंपारीक लोकनाट्याचो एक प्रकार. भारताच्या विविध भागांत विविध स्वरूपाचे लोकनाट्याचे प्रकार दिसून येतात. देखीक : उत्तर आनी मध्य भारतांत - रामलीला, रासलीला, स्वांग - नौटंकी, 'गुजरातांत - भवाई', बंगाल -बिहारांत जात्रा, गंभीरा, कीर्तनिया, दक्षिण भारतांत -यक्षगान विथिनाटकम, कामनकोटू. कोंकणांत दशावतार जागर आदी.

तमाशा हो शब्द मूळचो मराठी भाशेंतलो नासून तो उर्दूतल्यान मराठींत आयला आनी ताचो अर्थ पळोवपा सारको (प्रेक्षणीय) असो जाता. तेराव्या-चौदाव्या शतकांत दक्षिण भारतांत मुसलमानी अंमल सुरू जाल्या उपरांत मराठींत तो मेळटा. एकनाथाच्या एका भारूडांत 'बडे बडे तमासा देखे' अशी वळ आसा. आनी 'तमाशा' ह्या शब्दाचो 'उक्तो देखाव' असो अर्थ जाता.

वयले वयर पळयल्यार तमाशा हो खेडवळांचो भडक शृंगार जरी दिसलो, तरी तमाशा मळा वयलो नामनेचो कवी पठ्ठे बापूराव हाणे म्हटल्याप्रमाण 'लौकर यावे गणेशा । आतमध्ये कीर्तन वरून तमाशा ।।'' असो मुळचो प्रकार आसा.

भक्ती आनी शृंगार ह्या दोगांच्याय संयेगांत तमाशाचो जल्म जाला.

तमाशा करून दाखयतात तांकां तमासगीर म्हण तमाशांत सात-आठ कलावंत आसतात. कलावंतांच्या संचाक फड म्हणटात. फडाच्या मुखे सरदार वा नायक म्हणटात. सरदार म्हळ्यार तमशां सगळ्या नाट्यदर्शनाचो मुखेल नायक, म्हणजे सु आसता. तो तोंडी संवाद पदां वांगडाच वाजोवपांतूय कुशळ आसता. ताचेबरोबर बायलेचो केल्लो नाचो वा नाची, तशेंच विदुशक, धोलकें तुणतुणें वाजोवपी साथी आनी फाटल्यान उबे रावन जी, जी ग जी जी र जी' हे लावणींतले सूर ओडपी वा झीलकरी हे सगले फडांतल्या सरदाराचे स आसतात.

तमाशाचे खेळ गावांतल्या जात्रांनी, ऊरूच्या



**तमााशांतली लावणी**

वा होळये सारक्या उत्सवांनी जाता. तमाशाक रंगमायचयेची, पड्ड्यांची वा नेपथ्याची व्हडलिशी गरज नासता. खंयचेय उंचेले सुवातेर वा मैदानाचेर तमाशा करतात.

तमाशाची परंपरा उत्तर पेशवाईच्या काळापरस चड पोरणी आसुंये, अशें तातूंतल्या लावणी वाड्.मयावयल्यान जाणवता. पूण लोकांच्या धार्मीक आनी मामाजीक जिणे कडेन प्रत्यक्ष संबंद नासून फकत मनोरंजनाचे नदरेन पयशे घेवन गोंधळ, ललित, दशावतारी खेळ सारकिले, तमाशाच्या सभावाक लागीं पडटात, अशें मनोरंजन करपी लोककला प्रकार हे पयलींच अस्तित्वांत आसुंये अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. पूण चड करून उत्तर पेशवाईत सवाई माधवराव आनी दुसरो बाजीराव हांचे कारकिर्दींत तमासगीर शाहिरांक राजाश्रय मेळिल्ल्यान तमाशाचो चड उत्कर्श जालो.

गण, गौळण, लावण्यो, कवनां आनी मुजरो हीं पेशव्यांच्या काळांतलीं तमाशाचीं पांच आंगां आशिल्लीं. हालिंच्या तमाशांनी ह्या पाचूय आंगा वांगडा निमाणें 'वग' नांवाचो नाट्यप्रकार करतात.

**गण :** गण म्हळ्यार गणपतीचीं पदां. तमाशाचो आरंभ गणान जाता. पयलीं धोलकीं आनी तुणतुणें वाजोवपी हेर माथीदारां सयत लोकां मुखार येवन गण गायतात. गणेशान, गीतरचनेक आनी गीतगायनाक उर्बा दिवची आनी कार्यावळीक यस मेळोवन दिवचें असो ह्या गणगायनाचो हेत आसता.

**गौळण :** गणा उपरांत गौळणी म्हणटात. गौळणी म्हळ्यार गोपी आनी कृष्ण हांच्या लीलाविशींचीं पदां. अशो गौळणी संतांनीय रचल्यात. तमाशांत ह्यो गौळणी अभिनय करून संवादांसयत गायतात. धंय- दूद घेवन राधा आनी तिच्यो इश्टिणी मथुरेच्या बाजाराक वतना कृष्ण आनी ताचे सांगाती तांकां वाटेंत आडायतात. तांचे कडेन धंय-दूद मागून तांकां सतायतात. उपरांत कृष्णाचो प्रतिनिधी पेंदो आनी राधेची प्रतिनिधी मावशीबाय हांच्या विनोदी संवादांनी हे कार्यावळीक चड रंग चडटा.

**लावणी :** लावणी ह्या शब्दाचो संबंद कांय जाण संस्कृतांतल्या ''लापणिके'' कडेन लायतात. पूण पेशवाईंतलो शाहीर विठू परशराम हाणें म्हणल्या प्रमाण

''करीन लावणी अक्षर वेचुनी ।

देवा पंढरीनाथा ।''

जशे तरेन भाताची रोंपां - लावणी आसता तशी अक्षर-शब्दांची लावणी वा जुळणी असो हातूंतल्यान अर्थ येता. नाटक लायलें अशें आमी म्हणटात, तेच तरेन गितांतल्या शब्दांची एका फुडें एक अशी जाल्ली लावणी तिका लावणी म्हणटात.

लावणी गायतना नाचो वा नाची लावणेंतल्या आशयाक आपल्या उत्तान अभिनयान उठाव दिता. संगीत लावणेच्या नांवाखाला नाटक सिनेमांतली लोकप्रिय शृंगारीक गितांय गायतात. आयच्या तमाशांत संगीत लावणी, रंगबाजी, छक्कड लावणी अशेंय लावण्याचे प्रकार पळोवपाक मेळटा. रंगबाजी म्हळ्यार उत्तान शृंगाराचे वर्णन करपी लावणी. छक्कड म्हळ्यार नाट्यगितांच्या वा जोडगितांच्या स्वरूपाची लावणी.

**वग :** वग म्हळ्यार एके तरेचें नाटकूच. ह्या वग नाट्याचो आरंभ एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत जालो. हालिंच्या तमशांनी वग हें तमाशाचें मुखेल आंग जावन रावलां. चड करून वगाचे सुरवातिंची भुमिका सांगपा खातीर खाशेली अशी लावणी आसता. अशी ही लावणी निवेदनाच्या भाशेन वापरतात. वगांतले कांय संवाद गद्यांत आनी कांय संवाद पद्यांत आसतात. ह्या गद्य संवादांक 'बतावणी' वा 'सपातनी' म्हणटात.

**मुजरो :** नाटकांतल्या भरतवाक्या भशेन मुजरो हो तमाशाच्या निमाणो गायतात. हातूंत विंगड विंगड शाहिरांक तशेंच साधू, संत, अवलिये, बैरागी हांकां वंदन करून तांचो आशिर्वाद मागतात. हालीं हो मुजऱ्याचो प्रकार बंद जाला. पूण 1920 उपरांत ह्या मुजऱ्याचेर नाटकांतल्या नांदिचो प्रभाव पडून तो तमाशाचे सुरवातीक म्हणपाक लागलें. ते खातीर पयलीं गण आनी उपरांत

मानकऱ्यांक मानाचो मुजरो करपाची चाल सुरू जाली.

**संगीतबारी :** उत्तर हिंदुस्थानी जलशाचे पद्धतीचो एक नवो प्रकार, 1930 उपरांतच्या काळांत विदर्भ मराठवाड्यांतल्यान येवन तमाशांत भरसलो. ह्या नव्या प्रकाराचें नांव 'संगीतबारी'. मुळांत हो तमाशा नासून दोंबरणी - कोल्हाटणी हांचो नाच. तबलें, पेटी, वारावांचो त्रिकोण ह्या वाद्यांचे साथीचेर पोरण्यो - नव्यो लावण्यो, पदां आनी हालींच्या सिनेमांतली पदां नाचून गावप, अशें संगीतबारीचें मूळ स्वरूप जावन आसा. संगीत बारीचें मूळ उत्तर हिंदूस्थानांतले दरबारी नर्तिकेचे प्रथेंत आशिल्ल्यान, विदर्भ, मराठवाड्यांत तिका चड नामना आसा. थंय संगीतबारीक 'संगीत जलसा' ह्या नांवानूय पाचारतात.

**मराठी तमाशा परिषद :** तमाशांत सुदारणा घडोवन हाडपाच्या हेतान 1948 वर्सा शासनान दत्तो वामन पोतदार हाच्या अध्यक्षतेखाला एक तमाशा सुदारणा समिती स्थापना केली. फुडें 1954 त तमाशा अभ्यवेक्षण मंडळ अस्तित्वांत आयलें. पूण तमाशांतलें वगसाहित्य सामान्यतायेन उत्स्फूर्त आशिल्ल्यांन ते लिखीत स्वरूपांत ह्या मंडळा कडेन धाडपाक तमासगिरांक त्रासाचें जालें. हातूंतल्यान मार्ग काडपा खातीर पुण्याचो एक तमाशाचो ठेकेदार अहमदशेठ तांबे हाणें तमासगिरांची एक सभा आपयली. हे सभेंत थारिल्ल्या प्रमाण 25-26 जून 1955 ह्या दिसा पुणे हांगा महाराष्ट्र तमाशा परिशदेचे पयलें अधिवेशन भरलें. अधिवेशनाचे अध्यक्षस्थान केशवराव जेधे हाणें स्विकारलें. ह्या अधिवेशनांत एकूण 14 ठराव मान्य केले. उपरांत परिशदेची अधिवेशनां वेगवेगळ्या गावांनी जायत गेलीं.

ग्रामीण मराठी चित्रपटांनी तमाशाक एक खाशेली सुवात मेळ्ळ्या. कांय चित्रपट तर तमाशाचेरच भर दिवन तयार जाल्ले आसात. आदल्या काळांतले, गांवांगांवांनीं जावपी तमाशांचे फड (खेळ) आतां उणे जाल्यात.

**- सं. मं.**

**तय : पळयात → गौरी पुजन**

**तर्पण :** तृप म्हळ्यार संतुश्ट करप. ह्या ध
वयल्यान हो शब्द निर्माण जाला. तर्
शब्दाची व्याख्या अशी : ''देवर्षिपितृमनुष्या
जलाग्जलिदानेन तृप्तिसम्पादनम् ।''

हाचो अर्थ देव, ऋषी, पितर आनी मनीस हां
उदकांत संतूश्ट करप वा तृप्त करप.

ऋग्वेदांत 'तृप्ती' हो शब्द 'उदक' ह्या अर्थ
आयला. अथर्ववेदांत लेगीत 'तृप्त्या तर्पयति' - उदक
तृप्त करप अशें वचन आसा. हातूंतल्यान 'तृप' धातू
मूळ अर्थ उदक दिवप असो आसपाची शक्यताय आस

तर्पण विधी करपाचो मूळ उद्देश असो सांगला. मन
जल्म हो एकचदां फावो जाता. ह्या जल्माचें साथ
जावंचें म्हण आपल्या हातांतल्या सदांच बरें कार्य जाव
जाय. हाका लागून आपणाक बरी गती मेळटा, अ
शास्त्र सांगता. देव, ऋषी आनी मेल्ल्या जाणट्यां
आपणाक सदांच याद उरूंक जाय. तशेंच आपल
पिळग्यां कडल्यान आयिल्ल्या देवाचो, गुरूजनांचो अ
कुळांतल्या जाणट्या मनशांचो आपणाक सद
अभिमान आसूंक जाय. देव ऋषी हांचे वांगडाच मेल्ल
जाण्ट्याचे उपकार मानपाची जापसालकी दरे
मनशाचेर आसा आनी ही जाण राखपा खातीर शास्त्र
मनशाक तर्पण हो विधी सांगला.

मनशान तर्पण हो विधी नेमान करपाचो आसता.
खातीर 'ब्रह्मयश्र' नांवाचो विधी नित्यकर्मांत सांगल
तर्पण करतना उदक घेवन तर्पण करप अशें सांगलां. हा
उद्देश असो आसूं येता की, आपले मेल्ले जाण्टे हे
करून निर्जल वाठारांत रावतात. देखून तांकां हांगा
उदक दिल्यार ते तृप्त जातात.

हो विधी न्हंयचेर करप अशें बौधायनगृह्यसुत्र
म्हळां-

**स्त्रवन्तीष्वनिरूद्धासु त्रयो वर्णा द्विजाताय :।**
**प्रातरूत्थाय कुर्वीरन देवर्षिपितृतर्पणम्॥**

तर्पण हो विधी सकाळफुडें करप. आडावंक ाशिल्ल्या आनी व्हावपी न्हंयचेर तर्पण करचें. ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या त्रैवर्णिकांनी तर्पण करूंकूच जाय अशें बौधायन सांगता.

तीळ घेवन तर्पण करप अशें सांगलां. पूण घरांत जर ब्रह्मयज्ञ केलो जाल्यार तातूंत तीळ वापरचे न्हय अशें र्मसिंधुकार सांगतात. ब्रह्मयज्ञांग तर्पण करपाचें जाल्यार उदक घेवनूच करप. आपल्या कुळांतले भुरगे नाशिल्ले ाण्टे मेल्यार तांकां आपलें वस्त्र भिजोवन तें वस्त्र भिजोवन तें वस्त्र पिळून तें उदक दिवप अशें शास्त्रांत ांगलां.

देव, ऋषी आनी पितर हांकां हाताच्या खंयच्या भागा ंयल्यान उदक दिवंचें ताचे नेम सांगल्यात - उजव्या ाताच्या बोटाच्या फुडल्या भागांतल्यान (देवतिर्थान) वांक उदक दिवप. अनामिका, कनिश्ठिका हांच्या मदल्यान पीतरांक उदक दिवप (पितृतीर्थ) तर्पणाक कुश ा दर्भाची गरज लागता. देवांक कुश वा दर्भाच्या फुडल्या ोंकान, कुश वा दर्भाच्या मदल्या भागांतसून ऋषींक ाल्यार पितरांक कुश वा दर्भ दोडून घेवन तोंकांतल्यान उदक सोडप अशें सांगलां. देवांक एक ऋषींक दोन आनी पेतरांक तीन अर्ध्यां दिवंक सांगल्यांत. जाल्यार ायलांक एक अर्ध्य. जानवें सदांच दाव्या खांद्यार आसता. ताका 'सव्य' म्हणटात. तें उजव्या खांदार आसल्यार ताका 'अपसव्य' म्हणटात आनी माळेवरी ाळ्यांत लांबयल्यार ताका 'निवीत' अशें म्हणटात. वांचें तर्पण सव्यान, ऋषीचें निवितान जाल्यार पितरांचें अपसव्यान तर्पण करतात. देव तर्पणांत आनी ऋषी र्पणांत उदेंते कडेन तोंड करून जाल्यार पितृतर्पणांत दक्षिणे कडेन तोंड करून तर्पण करतात.

**- सं. मं.**

**तरंगां :** कोंकणांतल्या ग्रामदेवतांचें प्रतीक. हें तयार करपा खातीर चार ते पांच ात लांबायेचो लांकडाचो वाटकुळो खांबो घेवन ताका



पुडवें वा कापड गुठलायतात आनी ताच्या माथ्यार, धातूपसून तयार केल्लें देवीचें मुखें, हात वा कळस बसयतात. ह्या खांब्याक तरंग म्हणटात. कोंकणांतल्या जायत्या ग्रामदेवतांचीं अशीं तरंगां दसऱ्या दिसा नाचयत, वाजयत - गाजयत कळंबाच्या झाडाखाला व्हरतात. आनी थंय कळंबासकट ताची पुजा करतात. उपरांत थवय आनी मडवळ हातांत सुरो घेवन 'भल्ले रे भले' अशें म्हणत ओणवो रावन ताका प्रदशिणा घालतात. ह्या उत्सवाक तरंगोत्सव वा कळसोत्सव म्हणटात.

तरंग घेवपी मनीस भगत, गुरव, म्हालो, मडवळ, भंडारी वा थवय हांच्यांतले एके जातीचो आसता. ताका मोड म्हणटात. ताच्या आंगांत त्या त्या देवाचो संचार जाता. हाका अवसर येवप म्हणटात. ते लोकांचे भूतबादेचेर उपाय सांगतात. प्रसादाच्या रूपान 'कौल' दितात. भूतनाथ आनी पावनाई ह्या दोन देवतांच्या तरंगांमदीं अंतरपाट धरून मंगलाश्टकां म्हणटात. हाका शिवलग्न अशें नांव आसा. गोंयांत भोवतेक देवळांनी दसऱ्याक तरंगांची मिरवणूक काडटात. पेडणें, काणकोणचीं तरंगां प्रसिद्द आसात.

**- सं. मं.**

**त्रिन्दाद, आंतोनियु झेवीयर :** (जल्म : 1870 सांगे-गोंय, मरण :1935)



गोंयचो एक फाकीवंत चित्रकार. ताचें चित्रकलेचें शिक्षण मुंबयच्या सर जमशेटजी जी जीभॉय स्कूल ऑफ आर्ट (जे जे स्कूल ऑफ आर्ट) हे संस्थेंत जालें. ताणे आपले चित्रकले खातीर पारंपारीक पश्चिमी चित्र शैली आपणायली आसली तरी, भारतीय मनीस आनी भारतीय निसर्ग हांचे कडेन तो प्रामाणीक रावलो. ताचे चित्रकलेंत, ते खातीर, पूर्व आनी पश्चिम हांचे मदलो नाते संबंध दिसता.

ब्रिटीश राजवटींतल्या मुंबयच्या जे जे स्कूल ऑफ आर्ट संस्थेचो विद्यार्थी जाल्ल्यान ताचेर युरोपियन चित्रकलेचो व्हड प्रभाव पडिल्लो. ताणे पितरायल्ल्यां रूपचित्रांचे (Portraits), निसर्ग देखाव्यांचे (landscape) आनी अचल-जिवीतांचे (Still life) विशय भारतीय आसले, तरी तांची हाताळणी युरोपियन आसली. ताणे काडिल्लीं चित्रां हो अप्रतीम चित्रांचो नमुनो अशें जाणकारांचें मत आसा. ताचीं कांय चित्रां मुंबयच्या प्रिन्स ऑफ व्हेलस् म्युजियमांत, नित्याच्या प्रदर्शनांत दवरिल्लीं आसात. ताणे त्या काळांतल्या नामनेच्या ब्रिटीश व्यक्तिंचीं रूप-चित्रां काडिल्लीं, तीं ब्रिटनांत आसात. तेचप्रमाण ताणे भारतांतल्या नामनेच्या व्यक्तिंचीं काडिल्ली रूप-चित्रां भारतांतय आसतलीं. भारतांतल्या रूप-चित्रांमदीं ॲनी बेसंट, रतन टाटा कुटुंबीय, चित्रकाराचीं घरचीं आनी इश्टांच्या रूप-चित्रांचो आस्पाव आसा. कागदा वयली उदका-रंगाची चित्रकला जे फिशालकायेन तो पितरायतालो तीच फिशालकाय ताच्या कॅन्वासा वयल्या तेल - रंगांत दिसता.

ह्या संसारीक नामनेच्या चित्रकाराक ताच्या निमाण्यां दिसांनी भलायकेचें सूख मेळ्ळेंना. निमाण्या दिसांनी ताका व्हील-चॅयरीचेर आपलो वेव्हार करचो पडलो, तरी शेवट मेरेन ताणे चित्रकलेची सेवा चालूच दवरली. ताची धूव, आंजेला त्रिन्दाद, ही ताचेसारखीच एक चित्रकार आसली आपल्या मरणा पयलीं तिणे आंतोनि झेवीयर त्रिन्दाद प्रतिष्ठान (एस्थ त्रिन्दाद ट्रस्ट) खातीर आपली सगळ संपत्ती दान केल्ली. ह्या अमेरिकेंतल्या प्रतिष्ठाना वरव आंतोनियू आनी आंजेला ह्या बापूय धुवेचीं बरीचशीं चित्रां अमेरिकें स्थायीक जाल्ल्यां तांच्या घरच्यां सांबाळून दवरिल्लीं. गोंयका चित्रकारांचीं हीं चित्रां तांचे मायभुयेंत गोंयांत, उरचीं अशी तांच्या घरच्यांच इत्सा आसली. गोंयांत कलेच्या मळार काम कर फुंदासांव ओरीयेंत (Fundacao oriente) हे संस्थेन त चित्रां अमेरिकेक सावन गोंयांत हाडून तांचें संवर्धन त प्रदर्शन करपाची जापसालकी स्विकारली. सद्याक 2 चित्रां गोंयांत पणजे शारांत फुंदासांव ओरीयेंता कडे पावल्यांत. ह्या चित्रकाराचें जिवीत आनी कला हे संबंध आनीक वावर करपा खातीर हे संस्थेवरवीं अभ्यासवृ दवरपाची तयारी चल्ल्या.

- स

**त्रिनिदाद आर्मांदु :** (जल्म : अस्नोडें, बारदेस)

पाकिस्तानांतल्या लाहोर वाठारांतल गोंयकार बिशप. 1950 वर्सा तो पाद्री जालो. 1973 ताची बिशप म्हण नेमणूक जाली. उपरांत तो आप डायोसेझी खातीर वावर करूंक लागलो.

- सं. 

**त्रिनिदाद, जुआँव झेवीयर द सौझ :** (जल्म आसगांव)

एक गोंयकार धर्मप्रचारक. तो सुरवेक डोमनिक

आशिल्लो. 1822 त तो डोमनिकनाचो प्राथर आशिल्लो. उपरांत तो 1830 त धर्मशास्त्राचो प्रोफेसर जालो. 1842 तो मलाकाचो बिशप म्हूण वेंचून आयलो. पूण ताचो अभिशेक जालोना. उपरांत तो मोझांबीकाचो एपीस्कोपल गव्हर्नर जालो.

**- सं. मं.**

**त्रिशूळ :** एक पुर्विल्लें आयूध. हाका लांब दांडो आनी फुडें तीन तोंका आसतात. हें शिवाचें धोणू अशें मानतात आनी एक प्रतीक म्हण त्रिशूळ वापरतात. हें पुरायपणान चडशें एक आंगी (दांडो आनी तोंकां) धातुचें आसता. फुडलीं तीन तोंकां धातुचीं आनी दांडो लाकडाचो अशीय ताची रचणूक करता. त्वष्ट्यान सुर्याचें वैष्णव तेज कानशीन घासून त्रिशूळ तयार केलो, अशें विष्णु आनी मत्स्य पुराणांत सांगलां. त्रिशूळ हें खूब प्रभावी आयूध आसून तें पयलीं नेटान धुंवडावन प्रतिस्पर्ध्याच्या आंगांत रोमतात, असो उल्लेख वाल्मिकी रामायणांत आसा.



बौद्धांच्या त्रिरत्न आनी बोधिवृक्ष ह्या प्रतिकांचे त्रिशुळा कडेन साम्य आसा. भरतहूत, सांची आनी अमरावती हांगाच्या बौद्ध शिल्पांनी खांब्याचेर त्रिशूळ कोरांतिल्ले आसात. जुन्नर, कार्ले, कुडा आनी भाजे हांगाच्या लेण्यांतूय त्रिशूळ हें चित्र सांपडटा.

रांचीचे अस्तंतेक टांगीनाथ ह्या शैवक्षेत्रांत एक व्हडलो लोखणी त्रिशूळ आसा. ताचे मदलें तोंक मोडून पडलां. त्या मोडिल्ल्या तोकांचें वजनूच सुमार तीन मण आसा. उदेंते कडल्या कितल्याश्याच देशांनी पयलिंच्या काळांत आयूध आनी प्रतीक म्हण त्रिशुळाचो वापर करताले.

कितल्याश्याच देवांच्या हातांत त्रिशूळ आसता. शैव तंत्रांत त्रिशूळाक म्हत्वाची सुवात आसा. मोहेंजोदाडोच्या उत्खननांत त्रिशूळ सांपडला. त्रिशूळ हो तीन ज्वाळा आशिल्ल्या उज्या सारको दिसता आशिल्ल्यान ताचो ब्रह्ममूला कडेन संबंद जोडटात.

**- सं. मं.**

**तवशें :** (मराठी : काकडी, कन्नड : सवटिकाई, संस्कृत : सुशीलता, इंग्लीश : कुकंबर, लॅटीन : कुकुमीस, सटिव्हस, कुळ : कुकर्बिटेसी) एक फळ-वेल.

गोंयांत घरगुती पद्दतीन तवशाची लागवड करतात. तऱ्यां कवकवीत तवशाक गोंयांत पिपरी म्हणटात.



तवशें तन्नें आसतना धवसार पाचवें वा हळदुवसार आसता आनी जून फळ तांबूस पिंगशें आसता. चेन्नई कडल्या 'मुंडोसा' प्रकाराचेर बारीक कांटे आसतात. अशी तवशीं कोंकणांतय पिकतात.

तवश्यांची लागवड दोन पद्धतिनीं करतात. पयले आळें पद्तीन एका आळ्यांत खूप बियो घालतात. दुसरे पद्तीन जमनीचेर मेर करून तिच्या दोनूय वटांनी वा एके वटेन लागवड करतात. सगळ्या प्रकारांच्या जमिनींत हे पीक येता. रेंवट तशेंच चड जमनींत आनी 18अंश-14अंश सॅ. तापमानांत हें पीक बरें येता. वायंगणे पीक जानेवारी - फेब्रुवारी जाल्यार पावसाळी पीक जून - जुलयांत लायतात. गोंयात फकत पावसाळ्यांत तवशाचें पीक घेतात. हॅक्टरी सुमार 2.5 कि.ग्रॅ. बीं लागता. तवशाचीं वाल जमनीर पातळावपाक दितात. लागवडीसावन देड पावणेदोन म्हयन्यांनी फळां काडपाक मेळटा. फळ चड वाडचे आदीं आनी पिकचे आदीं तोडटात.

कोंकणांत पोरसांनी माटवाचेर तवशा-वेली चडयतात. पूण चड पिकावळ दोंगुल्ल्यांच्या पालसणार जाता. हांगा चिबूड, वाल, घोसाळीं, दुदी, भेंडे ह्यां भाज्यां वांगडा तवशांचीय लागवड करता.

भारतांत तवशांच्यो खूब जातिंची लागवड करतात. पुणे खिरा आनी बालम खिरा ह्यो जाती चड लागवडीक येतात. हेक्टर 25-30 टन कूसलेले शेण घाल्यार बरें पीक येता. तवश्याक मर, केवडा, डाउनी मायल्ड्यू, भूरी, कोनीय टिक्का, मोझेक हे रोग आनी किडी लागतात.

तवशांत सगळ्या तरांचीं जीवनसत्वां आसतात. बियो थंड आनी पुश्टीक आसतात. तातूंत हळडुवसार तेल आसता.

मगज (गर) दाहनाशी, बी (मुतूंक साफ जाता) आनी शीतक (थंडाय दिता) पानांचो काडो जिऱ्याच्या पिठ्या वांगडा घेत जाल्यार ताळ्याचे पिडेक उपेगी पडटा.

ही वाल मूळची उत्तर भारतांतली आसून भारतांत ती सुमार 3,000 वर्सां सावन लागवडी खाला आसा. क्रिस्ताआदीं 200 वर्सां सावन चिनांत लागवडीखाला आशिल्ली. उपरांत ती हेर वाठारांत पातळ्ळी.

तवसळी हो गोड पदार्थ तवशाचो गर आनी गॉड घालून करतात. धंय, कांदो, हरवी मिरसांग आनी तन्या तवशाच्या गराचो कीस घालून तवशा-करम करतात. खतखतें, सांबार हातूंत जून तवशाच्यो फोडी घालतात. जेवणार फळ-भाज्यां सालादांत तन्या तवशाचीं कापां घालतात. सामकीं कवकवीत अशीं तन्नीं दिखाळ, तवशीं (पिपऱ्यो) हरवीं खातात आनी ती रूचीक लागता.

**तवशां फेस्त** : गोंयांत साश्ट तालुक्यांतल्या तळावली गांवच्या सँत ॲनी सायबिणिचे चर्चीचें तवशां फेस्त जाता. ह्या फेस्ताक भावीक लोक सायबिणीक तवशांची केल्ली आंगवण पावयता. फेस्ता दिसा आंगवणेप्रमाण तवशीं सायबिणीक अर्पण करतात.

**कोंकणी म्हण : माजरा नदर भोपशार आनी कावळ्या नदर तवशार.**

अर्थ : माजराक भोपशें (नुस्तें) खूब आवडटात आनी कावळ्याक तवशे आवडटा. माजर खंयय भोपशें दिसता कांय म्हणून आनी कावळो तवशें दिसता कांय म्हणून नदर दवरीत आसता. जेन्ना कोणय मनीस आपले आवडटे वस्तुचो सोद घेता तेन्ना ही म्हण म्हणटा.

**- सं.**

**तवसळी** : तवशापासून केल्लो एक गोड पदार्थ. तवशें किसोवन केल्लो कीस. किसा इतकीच सोय आनी किसाच्या अर्दो तांदळा -कणो, (भिजयल्ल्या तांदळाचो) रूची पुरतें गॉड, मीठ आनी जाय तर काजूमोवले, तूप इतकें ह्या पदार्थाक साहित्य लागता.

तांदळा कणो तुपांत भाजून घेतले उपरांत तातूंत बाकिचें साहित्य घालून तें सगळें चुलीर शिजत दवरता.

तवशाचें उदक आट म्हणसर तें सगळें चाळीतच रावता. उपरांत तें सगलें मिश्रण तुपाचो थर लायिल्ल्या आयदनांत केकाभशेन भाजून घेतात. तवशाच्या मोसमांत हो पदार्थ घरांत एकदां तरी करपाची चाल आसा.

- सं. मं.

**तस्बीह :** मुसलमानांची जपमाळ. भारत, पाकिस्तान आनी इराण ह्या देशांतले मुसलमान लोक सादारणपणान 99 मणयांची जपमाळ उपेगांत हाडटात. हे माळेचे एकसारके तीन मणी, आकार आनी रंगान दुसऱ्यां परस वेगळे आसतात. हिंदू ज्या मणयाक सुमेरू म्हणटात ताका मुसलमान इमाम



म्हणटात. कांय जपमाळो 101 वा 33 मणयांच्यो आसतात. तस्बीहाच्या आदारान जप केल्यार पुण्याय मेळटा आनी पापाचो नाश जाता असो मुसलमानांचो भावार्थ आसा.

हे माळेंतले मणी जायत्या पदार्थांपसून तयार करतात. तरी लांकडाचे मणीच वापरपाची सर्रास चाल आसा. मक्काचे मातयेच्या मणयांची तस्बीह पुण्यायेची मानतात.

हाज यात्रे खातीर वचपी लोक मणयां खातीर मक्केंतली माती मुखेलपणान हाडटात. शिया पंथी लोक कर्बलांतले मातयेक चड म्हत्व दितात. हाचे भायर, भांगेचें बीं, उंटाचीं हाडां, खाजराच्यो बियो, मोलादीक पाशाण हांच्याय मणयांची तस्बीह करतात. अरबस्थानांत पुर्विल्ल्या काळासावन अशे तरेची जपमाळ वापरपाची चाल आसा.

दर दिसा, दर एका घरांत दर एक मनीस ही माळ घेवन देवाचो जप 'अल्ल हो अकबर' असो करता.

- सं. मं.

**तळी :** 1 : देवळां मुखार कृत्रीमरितीन तयार केल्ल्या उदका सांठ्याक तळी म्हणटात. गोंय आनी कोंकणांतल्या भोवतेक देवळां मुखार तळी आसता. हे तळयेचो उपेग सांगोडा खातीर मुखेलपणान जाता. दोन पनेळांचे जोडयेक सांगोड म्हणटात. देवळाच्या उत्सवा दिसांनी (जात्रांनी) देवाक ह्या सांगडार उबारिल्ले बसकेर बसोवन, गायन-वादनाच्या तालार आनी रोशणाईच्या सांगातान, तळयेंत भोंवताडे काडटात. हाका 'सांगोडोत्सव' म्हणटात.

देवळामुखा वयले तळयेचो वापर हो मुखेलपणान सांगोडोत्सवा खातीर करता आसलो तरी हेर वेळार, थळावे लोक तळयेच्या उदकाचो वापर न्हावपा-धुवपा खातीरय करतात. तशेंच थळावे तरनाटे हे तळयेंत पेंवप-शिकप आनी उपरांत पेंवप - मनोरजंन करतात. दांपत्याच्या गांठवल विधी वेळार, दांपत्य तळयेच्या उदकांत न्हाण घेता. हेर धार्मीक कार्यावेळार, यजमान, गरज पडटा तेन्ना, तळये उदकांत न्हाता.

फोंडें म्हालांतल्या, नागेशीं गांवच्या नागेश देवालयामुखार आशिल्ले तळयेची खाशेली रचणूक





केल्ली दिसता. रातीच्या वेळार, जेन्ना तळयेचें उदक थीर उरता तेन्ना देवळाचे गर्भकुडिंतले देवाचे मुर्तिचें प्रतिबींब हे तळयेच्या उदकांत उदेल्लें पळोवंक मेळटा.

गोंयांतले आनीक एके तळयेचें आगळे तरेचें अप्रुप आसा. सांगे म्हालांतल्या नेत्रावळी गांवच्या गोपिनाथ देवाचे तळयेंतल्या उदकांतल्यान आपशींच बुडबुडे (उदकाचे बोमाडे) निर्माण जाता. हे तळयेक बुडबुड्यांची तळी म्हणटात. ह्या बुडबुड्यां फाटले क्रियेचीं दोन कारणां सांगप जाता. एका शास्त्रीय कारणानुसार तळयेच्या तळाक आशिल्ल्या गंधकाच्या फातरांचेर ससायनीळ प्रक्रिया घडून तातुंतल्यान गंधकयुक्त वाफ तयार जावन ताचेवरवीं बुडबुडे वयर सरता. दुसऱ्या धार्मीक कारणानुसार तळयेंतले बुडबुडे हे थंयच्या देवीचे सासायेचो साक्षात्कार आसा. हे तळयेच्या उदकांत वैजकी गूण आसात आनी तांच्या फाटल्यानय शास्त्रीय आनी धार्मीक कारणां सांगप जाता.

पुरक नोंद : बुडबुड्यां तळी

- सं.

पुरक नोंद : 1) गांठवल 2) सांगोड

**तळी - 2 :** नाल्ल, तांदूळ आनी विडो घालून भरिल्लें ताट. मूळ 'थाळी' ह्या उतरा वयल्यान 'तळी' हें उतर आयलां आसूं येता. जेवणाचे वेगवेगळे प्रकार वाडून सजयल्ल्या ताटाक 'थाळी' म्हणटात. तळी हें खऱ्या अर्थान दारांत आयिल्ल्या गड्यां खातीर मानाचें ताट आसता. पूण ह्या ताटांतलें जेवण शिजयल्लें नासून जेवणा खातीर लागपी तो 'शिधो' आसता. गोंयांत कांय सुवातींनी 'तळी' ह्या उतराबदला 'तळय' अशेंय उच्चारतात.

आदल्या काळांत समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांकडल्यान मेळपी सेवा-चाकरेचें मोल आयजे भशेन पयशांच्या माध्यमांतल्यान मेजपाची चाल नाशिल्ली. तर तांदूळ सारकिल्लें धान्य आनी नाल्लासारकेलीं फळां दिवन तांचे सेवेची भरपाय करप जातालें. जात-धर्माचें वर्चस्व मानपाचो तो काळ. त्या काळांत, संस्कृतीच्या त्या राखणदारांक, सगळ्याच लोकांगेर शिजयल्लें अन्न घेवपाची मान्यताय आसताली अशें ना. देखून तांकां शिजयल्ल्या अन्नाबदला जेवो (शिधो) दिवपाची चाल सुरू जाली. कार्यावळीक सुरवात करचे आदीं हो शिधो एका ताटांत घालून तांच्या म्हऱ्यांत दवरताले आनी कार्यावळ सोपल्या उपरांत तो घेवन ते वताले. वतना शिद्यांतले मूठभर तांदूळ घरार उडोवन वा घरकान्नीच्या माथ्यार उडोवन त्या घराची भरभराट जावं असो आशिर्वाद दिताले. गोंय, कोंकण, महाराष्ट्र ह्या वाठारांनी 'तळी' दवरपाची चाल आसा. गोंयांत खास करून शिगम्याच्या उत्सवाक मेळ दर घरा दारांत वचून कांय वेळ 'चौरंगी' गावन नाचता. तालगडी, गोफ, काकाड्यां नाच अशे जायते प्रकार सादर केल्या उपरांत खेळे घरचे घरकान्नीक तळी हाडपा खातीर विनवणी करतात.

'तळी हाड बाये आसवत आयावपण, नांदू तुजें सासवत !'

खेळ्यांनी ह्यो वळी गायतकच घरची घरकान्न तळी घेवन येता आनी दारांत एका पाटार ती दवरता. तशे खेळे

खोशी जावन गायतात.

**'तळी हाडली आयांनी**
**उखल्ली खेळ्यांनी,**
**तिचें घर भरूं रे,**
**सुरय तांदळांनी !'**

गीताच्या ह्या कडव्या उपरांत खेळे 'आरत' नाचयतात आनी उपरांत तळीचें सामान काडून घेवन फुडले वाटेक लागतात.

तळीचें गीत गांवां कणकणी आनी समाजा कणकणी बदलिल्लें दिसता. पूण भितरलो आशय मात तोच आसता. ह्या गीताची आनीक एक देख मेळटा ती अशी:

'तळी दिल्या कुळा धनत राख
तळी दिली आयांनीं
उखल्ली खेळ्यांनी
तुजे घर शेंसव आमी
तीळ तांदळांनीं!'

बनवड आनी गड्यां खातीरूय तळी दवरतात. दिश्ट काडपा खातीर आयिल्ल्या म्हार वा गांवकाराकूय तळी दितात. नवो म्हूर्तमणी घेतना आनी कान तोंपतना शेटीक, चुडो भरतना काकणकाराक, न्हवऱ्याची भिशी मारतना म्हाल्याक, सवो बांदतना मडवळाक, गणपतीची मूर्त घेतना मुर्तिकाराक तळी दवरपाची चाल आसा.

महाराष्ट्रांत खंडोबा देवाक तळी दितात. ह्या प्रकाराक थंय 'तळी भरप' अशें म्हणटात. चंपाषष्टी, माघी, चैत्री आनी पुनव ह्या तिथींक खंडोबाक तळी भरतात. देशस्थ, ब्राह्मण, मराठे तशेंच खंडोबाक कुळदेव मानपी हेर जातींतले लोकूय खंडोबाक तळी भरतात.

हो विधी करपा वेळार 'येळकोट घे !', 'येळकोट घे!' असो व्हडाव्हडान उच्चार करतात. अशें तीन फावट करतकच तो नाल्ल फोडून ताची कातली थंय जमिल्ल्या लोकांक प्रसाद म्हणून दितात.

सादारणपणान तळी दोन नाल्ल्यांची आसता. पूण कांय कडेन तळयेंत पांच नाल्लय दवरतात. आंगवण करून पांच नाल्लूय दवरपाची चाल आसा. तांदूळ आपल्याक जाय तितके एक पड, शेर अशे दवरतात. विड्याचेर आपल्याक तांकता ते पयशे आनी गोड वा साकर दवरून हळद कुकूम दवरतात.

- सं.

**पुरक नोंद : तालगडी**

**तळें :** सादारणपणान सैमीक वा कृत्रीम रितीन जमनिच्या खोल भागांत एकठायिल्ल्या उदकाक तळें म्हणटात. तळ्याक प्रदेशा प्रमाण, आकाराप्रमाण, उपेगाप्रमाण वेगवेगळीं नांवा दिल्लीं आसात.

देखीक : तळी, ताल, तालाब, नडाग, पुष्करणी, वापी, वापिका आदी.



उदकाची पुरवण (पियेवपाक आनी शेती-शिंपणेक). धार्मीक कार्यां, सोबीतकाय, न्हाण-धूण अशा जायत्या कारणां खातीर आदींसावन तळ्याचो उपेग जाल्लो आसा. कांय तळ्यांच्या उदकांत भलायकेचो वैजकी गूण आसतात. अशा उदकांत न्हाण घेतल्यार कातीचे रोग ना जाता असो अणभव आसा.

आदल्या काळा सावन धार्मीक थळां (देवळां, मशिदी, गुरूद्वारां) व्हडलीं शारां, निर्माण करतना जायत्यां

कारणां खातीर वांगडा तळींय बांदिल्ली पळोवंक मेळटात. मदुराईच्या मिनाक्षी मंदिरांतल्या भांगरा कमळांच्या तळ्याची नामना आसा. जहांगीर तशेंच शहाजहान आनी हेर मुसलमान राजकर्त्यांनी बांदिल्लीं तळीं सोबीत आसात. आग्रा हांगाच्या ताजमहाल हे वास्तु सामकार बांदिल्लें तळें आकर्शक आसा.

**कोंकणी म्हण : 1) तळें राखतलो उदकाक मरना. 2) तळें राखी तो उदक चाखी.** जाचे कडेन उदकाचें तळें राखपाचें काम आसता, तो आपणाक जाय तेन्ना गरजेपुरतें उदक घेतल्याबगर रावचोना. ताका उदका खातीर वळवळे काडपाची गरजना. जाचे कडेन कसली वस्त दवरता, तेन्ना तो ते वस्तिचो वापर करतलोच अशें समजप जाता तेन्ना ही म्हण म्हणटा.

**- सं. मं.**

**पुरक नोंद : तळी - 1**

**ताक :** धंय धवळून लोणी काडटकच उरता तो पदार्थ. लोणयाच्या उत्पादनांत हो उपपदार्थ म्हण मेळटा.

आयुर्वेदांत ताकाचे उदक घाल्ले आनी उदक घालूंक नाशिल्ले तशेंच लोणी आशिल्ले आनी लोणी नाशिल्ले अशे प्रकार सांगल्यात. ताकाचे सामान्य गूण अशे आसात - गोड, आंबट, तोरट, उरण, पथ्यकर आनी शुक्रधातूक हितकर.

लोणयाच्या उत्पादना खातीर जर गोडी साय (मलई) वापरत जाल्यार ताकाचें संघटन साय नाशिल्ल्या दुदावरी जाता. पूण आंबट साय वापरल्यार मात ताकांत लॅक्टीक आम्ल (आबंसाण) चड आसता. धंय धवळटाना तातूंत उदक घालचें पडटा. ते खातीर ताक धवळून लोणी काडलें म्हणटकच पातळशें ताक उरता. ताजें ताक रूचीन आंबसार लागता आनी ताका एक प्रकारची रूचूय येता. शेळें ताक चड आंबट जाता, ताची रूच कडवट जाता आनी ताका आंबट वास येता.

ताका पासून ताकाची कडी, मठ्ठा असले पदार्थ करतात वा ताक निखटे पियेतात. ताक कुडींत शितळसाण हाडटा.

**कोंकणी म्हणी : 1) ताकाक येवन गाडगो लिपयता.**

कांय लोक कोणागेर कितेंय मागूंक गेल्यार, उक्तेपणान मागीनासतांना, आडवाटेन आपणाक जायते वस्तुचो उल्लेख करता. अशा मनशांखातीर ही म्हण म्हणटा. ताक व्हरपाखातीर हाडिल्लो गाडगो लिपोवन ताक मागपी, आपली ताकाची मागणी, लिपोवंक सोदता हो अर्थ.

**2) ताकापुरतें रामायण :** कांय लोक मतलबी आसता. आपलो मतलब सादसर ते गजाली सांगता. मतलब सादल्या बराबर सांगतालो ती गजाल अर्द्यारच सोडून वता, तेन्ना ही म्हण वापरता. ताक व्हरूंक आयिल्लो ताक आयदनांत पड म्हणसर रामायणाचें आख्यान लायता. तें आयदनांत पडनाफुडें अर्द्यारच रामायण सोडून वता. ताका रामायण सांगचें नासता. ताक व्हरचें आसता असो हे म्हणी फाटलो भावार्थ आसा.

**- सं.**

**तागडी :** पदार्थांचें वजन जोखपाचें साधन. वजन दाखोवपी दर्शकाचो आकार कांट्या सारको आशिल्ल्यान तागडेक 'कांटो' अशेंय म्हणटात. तागडी ही पुर्विल्ल्या काळासावन प्रचारांत आसा. इ. स. प. 7000 ते 5000 वर्सां सावन ती इजिप्तांत वापरांत आशिल्ली असो आदार मेळटा.

मोहेंजोदारो, हडप्पा ह्या संस्कृतायांच्या काळांत तशेंच वैदीक काळांतय तागडी वापरांत आशिल्ली. क्रिस्तापयलींच्या काळांतले कांय शेंकडे ती जगांतल्या चडशा देशांनी वापरांत आशिल्ली अशें म्हणटात. पुर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्ले समभूज तागडेंत



**पारंपारीक तागडी**

म्हत्वाच्यो अशो सुदारणा पयलीं अठराव्या शेंकड्यांत जोझेफ ब्लॅक ह्या रसायनशास्त्रज्ञान केल्यो.

दांडयेचे तागडेचे समभूज आनी विशमभूज अशे दोन प्रकार आसून दुकानां, बाजारांतल्या सदच्या वेव्हारांत समभूज प्रकाराची तागडी वापरतात. दुसरे तरेची तागडी म्हालगाडयेन, बोटीन धाडपाच्या व्हडल्या वज्याच्या वजना खातीर वापरतात. पयल्या प्रकाराचे तागडेंत एके घट्ट धातूचे दांडयेक बरोबर मदीं हातान धरपाची वा हुमकळावन दवरपाची वेवस्था आसता. दांडयेच्या मध्यासावन सारक्या अंतराचेर आशिल्ल्यां दोनूय तोंकांक दोन सारक्या वजनाचीं दालीं लायिल्लीं आसतात. जे वस्तूचें वजन करपाचें आसता ती एका दाल्यांत घालून दुसऱ्या दाल्यांत प्रमाणीत वजनां घालतात आनी तागडेची दांडी क्षितीज समांतर (बरोबर आडवी) जाय मेरेन वा काटकोनांत आसल्यार म्हळ्यार बरोबर उबी जाय मेरेन ती वस्त उणी करतात. आधुनीक समभूज तागडेचे दांडयेच्या मध्यभागाक वजन दाखोवपी दर्शक कांटो आसता.

इ. स. प. 400 वर्सां पयली विशमभूज तागडी तयार केल्ली ताका 'बिस्मार' अशें म्हणटाले. हाकाच फुडें 'डॅनीश वारोमन स्टील यार्ड' अशें म्हणूंक लागले. विसाव्या शतमानाचे सुरवातिच्या काळा मेरेन ती भारतांत वापरताले. पूण हे तागडेसावन व्हडलिशीं बिनचूक वजनां करप जायनासलें. ह्या तागड्यांचीं चित्रां भारतांतल्या इ. स. प. 300 वर्सां ह्या काळांतल्या नाण्यांचेर सांपडल्यांत.

तुळाभार ह्या धार्मीक विधींत समभूज तागडेंत मनशाक एका दाल्यांत आनी सम प्रमाणांतले आंगयल्ले जिन्नस दुसऱ्या दाल्यांत घालून मनशाचें वजन करतात.

वेपारांत आनी वेव्हारांत वेगवेगळ्या सुवातिंनी विंगड विंगड पदार्थांची वजनां करचीं पडटात. जळवाचें लांकूड, कोळसो हांचे सारकिल्ल्या पदार्थांच्या वजना खातीर चड वजन तोलूंक शकपी पूण कमी संवेदनशील तागडी वापरची पडटा. भांगर रूप्या सारकिल्ल्या मोलादीक वस्तुंच्या वजना खातीर चड बिनचूक आनी संवेदनशील तागड्यो वापरप गरजेचें आसता. तोलपाच्या वस्तुंच्या प्रकाराप्रमाण खंयचे क्षमतेची तागडी वापरची, हें चडशा सगळ्या देशांनी कायद्यान निश्चीत करून दिल्लें आसा. तशेंच ह्या कायद्याचें पालन जाता कांय ना हाचेर देखरेख दवरपाची सरकारी यंत्रणाय आसता.

आदल्या काळांत कड्डुणां आनी हेर धान्यां तोलपाची मापां आसतालीं. तांकां कुडव, पायली, पड, अन्नाटी, गिन्नाटी (लाकडाचीं आयदनां) म्हणटाले. तेल, तूप, दूद, म्होंव सारके पातळ पदार्थां खातीर शेर, अर्दशेर, पावशेर नवटांक सारकीं धातुंचीं मापां (आयदनां) वापरताले. आधुनीक काळांत हीं आदलीं मापां फाटीं पडल्यां आनी सगळ्यांच तरेच्या जिन्नसां खातीर तागडी आनी वजन-मापांचो वापर जाता. आतां वजनाचीं मापां वापरिनासतांना वजनाचे आंकडे दाखोवपी इलेक्ट्रॉनिक



**आधुनिक (इलेक्ट्रॉनिक) तागडी**

तागड्यो आयल्यात.

**कोंकणी म्हण : मापार पाप करचें न्ही.**

वस्तू जोखतां-मापतांना थंय फटींगपणा करचीं नासतात. अशे तरेचें फटींगपण म्हणजे गिरायकाचो विस्वासघात केल्ल्याचें पाप घडटा असो हे म्हणी फाटलो भावार्थ आसा. पदार्थाचें मोल एकदां थारलें की मागीर उण्या मापान पदार्थ विकचो नासता हो बोध हे म्हणींतल्यान मेळटा.

**- सं.**

**पुरक नोंद : तुळाभार**

**ताटयो (मीठ फाळणी) :** एक भारतीय मैदानी खेळ. कसलोच खर्च करिनासतना, सपाट अशे जमनीर खेळपाचो एक खेळ. हो खेळ चडसो कोंकण वाठारांत खेळिल्लो दिसता. महाराष्ट्र सारकिल्ल्या राज्यांत ह्या खेळाक 'आट्यापाट्या' जाल्यार गोंयांत 'मीठ फाळणी आनी 'ताटयो' अशें म्हणटात.

ह्या खेळाच्या मैदानांत 23 फूट 1 इंच लांबाय आनी 13 इंच रूंदाय आशिल्ल्यो णव आडव्यो ताटयो आंखतात. तांचे मदोमद 89 फूट लांबाय आनी 13 इंच रूंदाय आशिल्ली उबी ताटी आसता. दोन आडव्या ताटयांमदलें अंतर 11 फुटांचें आसता. जंयसून खेळ सुरू जाता ते पयले ताटयेक चांबार ताटी वा कपाळ ताटी म्हणटात. आनी निमाणे ताटयेक लोक ताटी वा मिठा ताटी म्हणटात. मदले उबे ताटयेक सूट ताटी, मृदंग ताटी वा दांड ताटी म्हणटात. णव आडव्यो ताटयो आनी एक उबी ताटी हांचेपसून सोळा खण निर्माण जातात. ताटयांचे सरभोंवतणीं धा कुडांची मेकळी सुवात खेळगड्यांचे घोळणुके खातीर दवरपाची आसता. हो खेळ दरेकी णव गडी आशिल्ल्या दोन पंगडांमदीं खेळटात.

पयली ताटी सोडून उरिल्ल्या आठ ताटयांचेर एकाच पंगडांतले आठ खेळगडे (राखणे) उबे रावतात. णवो खेळगडो मदलो उबे ताटयेचेर रावून राखण करता. विरोधी पंगडांतल्या णव खेळगड्यांनी ताटयो पार करून निमाणे ताटये भायर वचपाचो प्रयत्न करूंक जाय आनी ताटये वयल्या राखण्यांनी तांकां ताटयो हुंपपा पसून आडावंक जाय. ताटयो हुंपपाचें काम करतले खेळगडे ताटी रक्षकांक फुसलावन ताटी हुंपतात. जाल्यार त्याचवेळार ताटीरक्षक ताटयेचे शिमेभितरच रावन तांकां ताटी हुंपूंक ना दिवपाचें काम करता. अशें करतना एके ताटये वयले दोनूय प्रतीस्पर्धी ताटयेच्या एका तोंकासावन दुसऱ्या तोंका मेरेन चपळायेन तशेंच शिटूकसाणेन फेरयो घालतात आनी संद मेळटा तेन्ना खेळगडे ताटी हुंपतात वा ताटी राखणो ताका ताटी हुंपपाच्या यत्नांत आसतना हातान स्पर्श करता. स्पर्श जाल्लो खेळगडो बाद जाता. मदले ताटये वयलो दांडरक्षक ताटी राखण्याच्या प्रतिस्पध्र्याचे हिकमतीक बादा हाडून आपल्या पंगडांतल्या खेळगड्याक मदत करता. मदले ताटयेर मेळिल्ल्या प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक बाद करपाचो अधिकार दांडरक्षकाक आसता. तशेंच दांड राखणो उबी ताटीभर खंयचेय सुवातेर फाटल्यान तशें फुडें गडी बाद करूंक शकता. पूण ताटी राखणो मात प्रतिस्पर्धी खेळगड्याक फकत फुडल्यानच बाद करूंक शकता. प्रतिस्पर्धी खेळगडो ताटये फाटल्यान गेले उपरांत ताका बाद करपाचो अधिकार उरना. तशेंच ताटी राखण्याचो गडी बाद करतना पांय ताटये भायर पडूंक फावना. पयले ताटये सावन णवव ताटयो हुंपून, आक्रमण करपी पंगडान थारायल्ल्या वेळांत, वच्चें आनी उपरांत णवय ताटयो परतून हुंपून सुरवातीचे पयले ताटये कडेन येवंचें अशी तांचे कडल्यान अपेक्षा आसता. तांची ही अपेक्षा सफल जावंक दिवप ना अशें ताटयो रक्षकांचें काम आसता.

ह्या खेळांत सगळ्या णवय खेळगड्यांनी णव ताटयो हुंपपाची गरज ना. आक्रमक पंगडांतलो एक खेळगडो लेगीत णवय ताटयो हुंपून गेलो तरीय अर्दी फेरी जाली अशें जाता. मागीर ह्या खेळगड्यान मात ताटयांचेर

आडावन धरिल्ल्या आपल्या पंगडांचो खेळगडी आशिल्ल्यां ताटयां मदल्या खणांत प्रवेश करचो पडटा. हाका लोण वा मीठ दिवप अशें म्हणटात. मीठ हाडपी खेळगडो वा ताचे कडल्यान मीठ घेतिल्ल्या खेळ गड्यां कडल्यान हेर वांगड्यांक लोण वा मीठ दिता आनी अशे तरेन एका कडसून दुसऱ्या कडेन मीठ दीत खंयचोय एक खेळगडो लेगीत पयली ताटी (कपाल ताटी) हुपूंक पावलो की एक दाव वा लोण पुराय जाता. लोण पुराय जावपाक सगळ्याच खेळगड्यांची पयले ताटये मेरेन येवपाची गरज ना. पूण दरेका खेळगड्याक मात लोण वा मीठ मेळिल्लया खेळगड्याची भेट तो आशिल्ल्या खणांत जावंक जाय.

मीठ घेवन वचपी खेळगड्याक आडावपाचें आनी जाका मीठ पावोवपाचें आसा ताका कोंडींत धरपाचें काम ताटी राखणो करता. हे कोंडीक रिंगण वा कूड म्हणटात. कूड हो ह्या खेळांतलो निर्णायक आनी कठीण असो डावपेंच. दोनूय पंगडा खातीर आसता. आक्रमक पंगड मीठ हाडपाक येसस्वी जालो जाल्यार त्या पंगडाक एक डाव मेळून परतून तो आक्रमण करपाक भायर सरता. जर आक्रमक पंगडांतलो एक लेगीत खेळगडो डाव जावचें पयलीं बाद जालो जाल्यार राखणो पंगड आक्रमण करता आनी बाद जाल्लो आक्रमक पंगड राखणो जाता. आक्रमक पंगडाच्या सगळ्या खेळगड्यांक मीठ पावचें पयलींच जर आक्रमक खेळगड्यान पयली ताटी हुंपली जाल्यार मीठ कुसयलें अशें म्हणटात आनी अशे तरेन आक्रमक पंगड डाव हारता.

वैयक्तीक चपळाय आनी शिटूकसाण, सांघीक कुशळटाय हांचें गिन्यान तशेंच प्रशिक्षण ह्या खेळावरवीं मेळटा. हांचेच जोडयेक मनोरंजन आनी व्यायाम हाचो लाव जाता. खेळावरवीं मेळपी ह्या गुणाचो खेळगड्याक फुटबॉल, हँडबॉल, बास्केटबॉल, हॉकी सारकिल्ल्या खेळांनी फायदो जाता. एका तेंपार विशेश करून गांवगिऱ्या वाठारांनी खुबूच लोकप्रिय आशिल्लो हो मैदानी खेळ, नागरी आनी विदेशी खेळांच्या आक्रमणाक लागून हेर गांवठी खेळां सारकोच आतां फाटीं पडलां.

- सं.

**ताडपत्र :** खूब पुर्विल्लें एक बरोवपाचें साधन. ताडपत्र हें ताड झाडाच्या पानांपसून तयार करताले. हीं झाडां चड करून उदेंत आनी दक्षिण भारतांत आसात.

'पाशुपताचार्य रामेश्वरध्वजकृत', 'कुसुमांजलिटीका' आनी 'प्रबोधनसिद्धी', ह्या तडपत्रांचेर बरयल्ल्या ग्रंथांची हातबरपां अनुक्रमान इसवी सनाच्या पयल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतलीं आसात. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या शेंकड्यांतल्यो अश्योच कांय पोथयो काश्मीरांत मेळ्ळ्यात. तातुंतल्यो कांय पोथयो भांगराच्या अक्षरांच्यो आशिल्ल्यो आनी ताच्या फळ्यांचेर सोबीत चित्रां आशिल्लीं, अशें तेविशींच्या पौराणिक उल्लेखा वयल्यान दिसता. केरळांत मेळिल्लें आदलें कोंकणी गोड्डें रामायण ताडपत्रांचेर बरयल्लें आसा.

ताडपत्रांचेर पोथी बरोवपाचे पद्दतींतल्यान भारतीय लेखनविद्येंतले चडशे शब्द तयार जाल्यात. ग्रंथविभागां खातीर वापरात ते स्कंध, कांड, शाखा, वल्ली हे शब्द झाडां-वालीं कडेन संबंदीत अशे आसात. संस्कृत उतर 'ग्रंथ' म्हळ्यार एकठांय बांदप. पानां ओंवून तीं एकठांय बांदप हाचे वयल्यान 'ग्रंथ' हो शब्द तयार जालो. लिखाण, लेखणी हे शब्द लिख म्हळ्यार कोरांतप हाचे वयल्यान तयार जावन ते ताडपत्राचेर कोरांतून बरोवपाचे पद्दतींतल्यान वापरांत आयल्यात.

ताडाची पानां एक ते चार इंच लांबायेचीं कापून पयलीं तीं वतांत सुकोवप. उपरांत उदकांत शिजोवन परतून वतांत सुकोवप. पानां सुकतकच शंख वा हेर कसलीय गुळगुळीत वस्त घेवन तीं पानां घोटून सुळसुळीत करप. उपरांत त्यां पानांचेर शायेन बरोवप. पूण अशीं शायेन बरयल्लीं अक्षरां तिगून उरनात म्हण लोखणाचे सरयेन पानां कोरांतून त्या अक्षरांनी शाई भरपाची चाल सुरू जाली. अशा ह्या पानांक मदीं बुराक करून वयर-सकयल

पवित्र मानल्यांत. विष्णू धरून बऱ्याच देवांचे पुजे खातीर तुळशीपानांचो उपेग करप जाता. सत्यनारायण व्रतांत देवाक तुळशीपानांचो अभिशेक घालप जाता. देवाक तिर्थ-निवेद्य दाखोवचे पयलीं तातूंत तुळशीपान दवरतात. दान-धर्म करतकच त्या दान वस्तूचेर तुळशी पान दवरून दान अर्पण करतात.

पद्मपुराणांत तुळशींविशीं अशें म्हळां -

मणिकाश्चनपुष्पीण तथा मुक्तामयनि च ।

तुलसीदलपत्रस्य कला नार्हन्ति षोडशीम ।

अर्थ : भागराचीं, रत्नांचीं आनी मोतयांचीं फुलां जरी विष्णूक ओंपली तरी ताका तुळशी पानांची सर येवंची ना.

तुळशीपानान प्रोक्षण केले बगर विष्णु निवेद्य स्विकारना. तुळशिचें दर्शन, स्पर्श, ध्यान, नमन, पुजन, रोपण आनी सेवन ह्यो गजाली पातकां नश्ट करतात. तुळशिच्या पुराय झाडांत देव आसता अशें समजतात.

तुलसी कानन चैव गृहे यस्यावतिष्ठते ।

तद् गृहं तीर्थभूतं हि नायन्ति यमकिड.करा ।

अर्थ : ज्या घरा तुळशिचें वन आसा तें घर तिर्थावरी पवित्र आसता. ह्या घरांत यमदूत येनात.

जंय तुळशिचें वन आसता त्या वाठारांतली कोसभर जमीन गंगेवरी पवित्र जाता अशें म्हळां. तुळशीचें पान काडटा आसतना हे निशेध सांगल्यात - वैधृती, मंगळ, शुक्र हे वार, रातीचीं आनी तिनसांजे तुळशिचीं पानां काडप नासता. तशेंच भश्टांत आसतनाय तुळशीक हात लायनात.

तुळशिच्या दरेका भागाचे वखदी उपेग जातात. थंडी, खांक, कप तशेंच जोर उणो करपाक तुळशिच्या पानांचो रोस उपेगी पडटा. कान दुखल्यार कानांत तुळशिच्या पानांच्या रोसाचे थेंबे घालतात. तुळशिचीं पानां चाबून खाल्ल्यार रगत शुद्ध जाता. तशेंच मलेरियाच्या दुशीत तत्वाचो नाश जाता. तुळशिच्या पानांची च्या पियेल्यार मानसीक ताण उणो जाता. वात, संधीवात, सांध्याची दुखणीं ह्या रोगाचेर तुळशिचो उपेग जाता.

आयुर्वेदाचे नदरेंतल्यान तुळशिच्या पानांक खुबूच म्हत्व आसा. तुळशिच्या केसरांचो काडो करून पितात. तुळशिच्या पानांचो रोस काडून तो म्होंवांतल्यान घेतले उपरांत खोकलेची ठास उणी जाता. खंयचोय वैजकी वापर करतांना, जाणकाराचो सल्लो घेवन करचो.

तुळस ही दरेका हिंदुच्या घरामुखार आसपी एक पवित्र आनी उपेगी वनस्पत. ती विष्णुक प्रिय आसा देखून तिका "हरिप्रिया" अशेंय म्हणटात. तुळशीक अमृतोग्दवा, विष्णुवल्लभा अशीं हेर नांवां आसात.

वारकरी पंथाच्या लोकांमदी तुळशी पानांची माळ हें वारकरी - प्रतीक. जप सिद्ध जावपा खातीर तुळशीची माळ गळ्यांत घालप गरजेची आसता. तुळशी काश्ठमणीमाळ जो गळ्यांत घालता तो अश्वमेध यज्ञाचें फळ प्राप्त करता अशे ब्रह्मवैवर्तपुराणांत सांगलां.

जें समाज हितकारी ताका धार्मीक संदर्भ जोडप हे आमच्या जाण्टेल्यांचें समाजशास्त्र आनी मानसशास्त्र. तुळस हे वनस्पती कडेन आशिल्ल्या भलायकेक उपकारक गुणांक लागून तिका भारतीय धर्मशास्त्रांत मानाची सुवात दिल्या.

**- सं. मं.**

**तुळस - 2 (वृंदावन)** : एक धार्मीक बांदावळ. एहे थारावीक उंचायेच्या पेडाचेर, विष्णू आनी हेर देवांच्यो मुर्त्योआशिल्लें चड करून चौकोनी आकाराचें वृंदावन बसयतात. हें वृंदावन पोकळ आसता आनी ते पोकळेंत माती भरून तातूंत तुळशिचें झाड रोयतात.

हिंदूच्या घरामुखार आनी देवळामुखार सर्रासपणान तुळशी वृंदावनां बांदतात.

आदल्या काळांत घरचे घरा, मातयेचीं वृंदावनां बांदताले आनी तीं चडशीं चवकोनी आसतालीं. तांचेर देव-देवतांच्यो मुर्त्योआसताल्योच अशें ना.

आधुनिक काळांत गंवड्या कडल्यान पक्क्या बांदावळिचीं, चिरे-शिमीट वापरून वृंदावनां बांदतात. ही



आधुनीक बांदावळ वेगवेगळ्या आकाराची आनी मोदिंची आसता.

हालिंच्या तेंपार, भोवमजली इमारतींतल्या फ्लॅट पद्दतींत, तुळशी वृंदावना खातीर सुवात आसना. अशे परिस्थितींतय लोक गॅलरींत वा हेर मेकळे सुवातेंत डबो, कास, कुंडी वा तत्सम वस्तुचो उपेग वृंदावना सारको करतात आनी तातूंत तुळस लायता.

तुळशीवृंदांवनाविशीं जायत्यो पुराणीक आनी लोककथात्मक उत्पत्तीकथा आसात. तातूंतल्यो कांय कथा अशो आसात. 1) धर्मध्वज नांवाचो राजा आनी ताची बायल माधवी हांका सोबीत अशी चली आशिल्ली. तिच्या रूपाक लागून तिका तुळशी म्हणटाले. तिणें बदरीवनांत विष्णु खातीर तप केलें. तेन्ना ब्रह्मदेव तिका प्रसन्न जालो. तेन्ना तिणें ताका सांगले, ती फाटल्या जल्मांत तुळशी नांवाची गोपी आशिल्ली आनी ती कृष्णाची आवडटी सखी आशिल्ली. एक दीस राधेन तिका श्रीकृष्णा वांगडा सहवासाचें सूख घेतना पळयली आनी तिणें तिका मनशाचे योनींत जल्म घेवपाचो स्राप दिलो. कृष्णाक हो स्राप आयकून वायट दिसलें आनी ताणें तिका मानव जल्मांतय मेळपाचें उतर दिलें. ही खबर आयकून ब्रह्मदेवान तिका सांगलें, ह्या मानव जल्मांत तुका विष्णु मिळटलोच, पूण ते आदीं तुका आदल्या जल्मांत गोप आशिल्ल्या पूण राधेच्या स्रापाक लागून ह्या जल्मांत दैत्याचो जल्म घेतिल्ल्या शंखचुडा कडेन लग्न जावचें पडटलें. उपरांत ताणें तिका षोडशारवरी राधिकामंत्र दिलो. उपरांत तिका शंखचूड मेळ्ळो. तो गांधर्वविधीन तिचे कडेन लग्न जालो. फुडें तो दैत्य खूब मातलो. ताणें देवांचेर घुरी घाली. देव शंकरा कडेन गेले. उपरांत शंकराचें आनी ताचें व्हड झूज जालें. पूण तुळशीच्या पातिवत्याक लागून शंखचूड अमर जाल्लो. देखून ताका कशेंच मरण येना जालें. तेन्ना विष्णू कपट करून शंखचूडाचें रूप घेवन तुळशी म्हऱ्यांत आयलो. तिणेंय घोव समजून ताची सेवा केली. पूण रोखडेंच तिका जेन्ना कळ्ळें की, विष्णु तिच्या घोवाचें रूप घेवन आयलो तेन्ना तिणें ताका पाशाणरूप जावपाचो स्राप दिलो. तेन्ना तिका विष्णून सांगलें, हांव मेळचो देखून तुवें तप केल्लें. ताका लागून शंखचूडाच्या रूपान हांवे तुजे कडेन संबंद दवरलो. हाचेफुडें तुका दिव्य देह मेळटलो. तुज्या ह्या तापिल्ल्या शरिरांतल्यान गंडकी नांवाची न्हंय निर्माण जातली. तुज्या केंसातल्यान एक झाड येतलें. ताकाय लोक तुळसच म्हणटाले आनी ताची पुजा करतले. तुवें म्हाका पाशाण जावपाचो स्राप दिल्ल्यान हांव गंडकीचे देगेर साळीग्राम नांवाचो पाशाण जातलों. म्हजे प्रतीक म्हण लोक हें पाशाण पुजतले आनी ताचेर तुळशीपानां घालतले. तशेंच शंखचूडाचो शंखाच्या रूपान म्हजें पुजेंत आस्पाव जातलो.

2) समुद्र - मंथनाच्या वेळार तातूंतल्यान जे अमृत आयलें, ताचें कांय थेंब जमनीर पडले आनी तातूंतल्यान तुळस निर्माण जाली. उपरांत ब्रह्मदेवान तुळस विष्णूक दिली.

3) जालंधराची भार्या वृंदा हिच्या शरीरांतल्यान आयिल्ल्या घामांतल्यान तुळस उत्पन्न जाली.

4) तुळस ही एक ब्राह्मणाची चली आशिल्ली. तिका ब्राह्मणान घरांतल्यान धावडून दिली. उपरांत ती विठोबाच्या आश्रयाक गेली. विठोबा आनी तुळस हांचे एकामेकांचेर प्रेम जालें. रूक्मिणीक तें आवडूंक ना. तिणें तुळशीचो घात करपा खातीर कपट करून तिच्या मनांत विठोबाच्या प्रेमाविशीं दुबाव निर्माण केलो. ताका लागून विठोबा आनी तुळस हांच्यांत अंतर आयलें. उपरांत कांय तेपान तांच्या मदलो दुबाव ना जालो. पूण तरी आसतना तुळशीन विठोबाक लागीं केलो ना. आनी आपूण सितेवरी भूमीत गुप्त जाली. फुडें वनस्पतीच्या रूपान तिणे जल्म घेतलो. मागीर विठोबा आनी तुळशीचें लग्न जालें. विठोबाक आनी विठोबाच्या वारकरी भक्तांक तुळशी - माळ गळ्यांत घालप जाता. ताच्या फाटल्यान हे कथेचो संदर्भ आसा.

सणा परबेक रांगोळी काडून तुळशीमुखार दिवो लावपाची पद्दत आसा. तेभायर दिसपट्टें सकाळफुडें न्हाले उपरांत तुळशीवृंदावनांतल्या तुळशी झाडाक उदक घालपाची चडश्या बायलांचो नेमधर्म आसता. तिनसांजच्या वेळार तुळशीमुखार दिवो लावपाची पद्दत सर्रास हिंदू घरांनी दिसता.

**तुळशी लग्न** : तुळशीसंबंदीत एक परब. ह्या दिसा विष्णुचें तुळशीवांगडा सांकेतीक पद्दतीन लग्न लायतात. कार्तिक शुद्ध एकादशी पासून लग्न लावपाची चाल आसा. ह्या चार तिथींनी उत्तरा, भाद्रपदा, रेवती आनी आश्विनी नखेत्र जे तिथीक येता तो दीस तुळशी लग्नाक एकदम बरो अशें शास्त्र सांगता. तुळशी लग्नाक कोंकणांत व्हडली दिवाळी म्हणटात.

लग्नाच्या आदल्या दिसा तुळशीचें वृंदावन आनी ताचे भोंवतणचो जागो झाडून धुवन निवळ करतात. भोंवतणीं शेण सारोवन जमीन शुद्ध करतात. वृंदावन वेगवेगळ्या रंगांनी रंगयतात. लग्नादिसा सकाळीफुडें तुळशी भोंवतणीं रांगोळी घालतात. उपरांत तुळशीक तेल हळद लावन अलंकार घालून नटयतात. तुळशीच्या वृंदावनांत उशी शिवडी, जिन्याबडी (दिण्या बडी) चिंच, आंवाळो हांच्यो ताळयो दवरतात. रोजांच्यो माळो घालून वृंदावन सजयतात. उपरांत पुरयताक आनी आप्तइश्टांक आपोवन सगळ्यांचे उपस्थितींत तुळशीची षोडशोपचार पुजा करतात. षोडशोपचार पुजा अभिशेका मेरेन पावतकच तुळशीक दुदाचें न्हाण घालून तिनदां तुळशीक प्रदक्षिणा घालून विष्णूक 'जागो जा' अशी प्रार्थना करतात.

निवेद्य समर्पण जाले उपरांत, राधा स्वरूपी तुळस आनी कार्तिक दामोदर विष्णुरूपी बाळकृष्ण हांचें लग्न करतात. घरचो यजमान हातांत आंब्यापानां गुठलावन आनी फुलां गुथून केल्ली माळ घेवन पाटार उबो रावता. तो आनी तुळस हांचे मदीं अंतरपाट धरतात. जमिल्ल्या लोकांक अक्षता वाट्टात. मंगलाश्टकां म्हणून जातकच यजमान आपल्या हातांतली माळ तुळशीक आनी न्हवऱ्याचें प्रतीक आसल्या दिण्या बडयेक अर्पण करता. उपरांत आरती जातकच सगळ्यांक फोव, चिरमुल्यो, उस अशी खिरापत वाट्टात. उपरांत सवायशीण बायलो तुळशीची होंट भरतात. तुळशी म्हऱ्यांत जोडवें पेटोवन सौभाग्याची याचना करतात.

हिंदू धर्मांत, तुळशीचें लग्न लागचे पयलीं मनशांचीं लग्नां करपाची रीत ना. तुळशीचें लग्न लागतकच उपरांतच्या म्हुर्ताचेर हिंदू लोक लग्न करतात. तशेंच चींच, आंवाळे, तुळशीचें लग्न जावचे पयलीं खायनात.

- **सं. मं.**

**पुरक नोंद : चुडी पुजा**

**तुळाभार** : तुळाभार हें उतर तुळा आनी भार ह्या दोन उतरांपसून तयार जालां. तुळा म्हळ्यार तागडी आनी भार म्हळ्यार वजन. तागडेच्या एका दाल्यांत मनशाक बसोवप आनी दुसऱ्या दाल्यांत मनशाच्या वजना इतको आंगवण केल्लो जिन्नस घालून त्या मनशाक जोखप. उपरांत त्या जिनसाचें दान करप, हाकाच तुळाभार अशें म्हणटात.



देवाचे मुर्तिचो तुळाभार

देवळांनी तुळाभार करपाची जी पद्दत आसा, ती चड करून 'तुलापुरूषदान' म्हणून जें दान सांगला ताचे वयल्यान सुरू जाली आसूं येता. तुलापुरूषदान हें सोळो महादानांतलें एक. भांगर, रूपें वा खंयचीय वस्त घेवन आपली तुळा करून घेवप आनी ते वस्तिचें दान करप अशें ह्या महादानाचें स्वरूप. देवळांनी जे तुळाभार करतात ते पिडा निवारण, संकश्ट निवारण, भलायकी, धन, संतत प्राप्ती अशांचे आंगवण पुर्तींतल्यान करप जाता.

दरेका जल्मांत कृष्णूच आपलो घोव जावंचो म्हूण सत्यभामेन श्रीकृष्णाचो तुळाभार केल्लो. पयलींचे राजे, महाराजे आपलो तुळाभार करून घेवन ते द्रव्य ब्राह्मणांक वांट्टालें. शिवाजी महाराजाचो राज्यभिशेक जाले उपरांत खूब दानधर्म केल्लो. तातूंत ताचो भांगराचो तुळाभार आसलो.

तुळाभार करचे पयलीं देवळांतलो पुरोयत ज्या मनशाचो तुळाभार करपाचो आसता ताचे कडल्यान नवस पावोवपाचें उदक सोडटा आनी गणेशपुजा करून घेता. देवळाच्या चौकार एक व्हड तागडी बांदतात. ते तागडेच्या एका दाल्यांत आंगयल्ल्या मनशाक बसयतात आनी जे वस्तून तुळा करपाची आंगवण केल्या ती वस्तू दुसऱ्या दाल्यांत घालतात. वस्तुचें दालें व्यक्तीच्या दाल्यापरस सकयल येतकच थोडो वेळ तागडी तशीच दवरतात. उपरांत त्या मनशा कडल्यान आंगवण पावयली म्हण उदक सोडटात. ते व्यक्तीक तागडेंतल्यान सकयल देवोंवन गाराणें घालतात. दुसऱ्या दाल्यांतल्या वस्तुचें पुरयत, सेवेकरी वांटप करून घेतात. तशेंच गरजूंक दान करतात. चड मोलाची वस्त आसल्यार ती देवाच्या भांडारांत जमा करतात. चड करून नाल्ल, साकर, तांदूळ, तीळ, फळां ह्यो आंगवणींच्यो वस्तू आसतात. जे वस्तून तुळाभार करपाची आंगवण केल्ली आसता ती ती वस्तू तुळाभारांत वापरतात.

आंध्रप्रदेशांतल्या तिरूपती देवळांत धान्य, फळां, मिठाय आनी पयशांची नाणीं अशा वस्तींचो तुळाभार करताले. ह्यो वस्ती सांबाळप तशें तांचो विलो लावप (विकप, दान करप) हें काम कटकटिचें तशें वेळखायरें आनी खर्चीक जाल्ल्यान आता थंय तुळाभार जाता ते व्यक्तिच्या वजना इतक्या वस्तींचें मोल, दुडवां रूपान देवस्थानाच्या भांडारांत जमा करप थारायलां.

कोंकणांतल्या चडशा देवळांनी तुळाभार करपाची वेवस्था आसा.

**- सं.**

**तुळू भास :** द्रवीड भाशा कुटुंबांतली एक भास. ती कर्नाटक राज्याच्या दक्षिण कॅनरा ह्या दर्या देगेच्या वाठारांत आनी केरळच्या उत्तरेकडल्या कासरगोड तालुक्यांत उलयतात. तुळू लोक कर्नाटकांत, कांय केरळांत, महाराष्ट्रांत, तामीळनाडूंत आनी बाकिचे देशाच्या हेर वाठारांनी पातळ्ळ्यात.

आदल्या तेंपार तुळू भास बरोवपा खातीर मल्याळम् लिपींतल्यान तयार जाल्ले स्वतंत्र तुळू लिपीचो उपेग जातालो. हालिंच्या काळांत म्हणल्यार सुमार 100 वर्सांमदीं, ते सुवातेर कन्नड लिपीचो उपेग करतात.

ध्वनिविचार : स्वर : अ, आ, इ, ई, ए (ऱ्हस्व आनी दीर्घ) उ, ऊ, ओ (ऱ्हव आनी दीर्घ) अॅ (ऱ्हस्व आनी दीर्घ)

व्यंजनां : क, ग, ङ., च, ज, ञ, ट, ड, ण, त, द, न,

प, ब, म, य, र, ल, ळ, व, श, ष, स, ह.

व्याकरण - नाम : तीन लिंगा आनी दोन वचनां आसात. कांय नामांचे भोववचन जायना. विभक्ती आठ आसात आनी तांचे प्रत्यय अशे आसात -

| **विभक्ती** | **एकवचन** | **भोववचन** |
|---|---|---|
| प्रथमा | शून्य, अ, ऊ, ए | रु, ळु, कुळु |
| द्वितिया | न, नु | रे, ळेणु |
| तृतिया | टा, डा | लेडा |
| चतुर्थी | ग, क, गु, कु | रेग |
| पंचमी | डद, डदु | लेडदु |
| षष्ठी | आ, ता, दा | रे, ळे |
| सप्तमी | ट, ड, टु, डु | ळेडु |
| संबोधन | आ, ओ, | रे, ळे |

सर्वनाम - सर्वनामां अशीं आसात -

| | **एकवचन** | **भोववचन** |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | एन = हांव | एंक्लु 'आमी' |
| दुसरो पुरूश | ई, 'तूं' | नांवु= आपूण |
| | | निंकलु ='तुमी' |
| | ईर, 'तूं' (आदरार्थी) | |
| तिसरो पुरूश (पयस ) | पु, आये | |
| | स्त्री-आळ | आकलु |
| | आदरार्थी = आर | आय्क्लु |
| (लागीं) | पु. उंब्य | |
| | स्त्री. उंबाळ | मूक्ळु (मनीस) |
| | न. उंदु | उंदक्ळु (सचेतन) |
| | | नेक्ळु (अचेतन) |

प्रस्नवाचक सर्वनामां - एर (पु. स्त्री) आनी ओवु एकवचन - ओयक्ळु, भोववचन (न). हीं आसात.

विशेशण - तुळू भाशेंत सिद्ध विशेशणां उणीं आसात. पूण नामाक आपिनी आनी आदुप्पुनि लायल्यार हें उणेपण भरून येता. सिद्ध विशेशण - पोसा = नवो, पोसाकुंटु = 'नवे कडपे' साधित विशेशण बेने = वेदना' - बेनेउप्पु = 'वेदनाकारक' पंचमी उपरांत येवपी विशेशण तुळा आनी सप्तमी उपरांत येवपी विशेशण व्हडपण दाखयता.

क्रियापद - धातूचें रूप जशाकतें वापरून वा ताका 'ला' हो प्रत्यय लावन आज्ञार्थाचें एकवचन मेळटा. अनेकवचनी 'ले' हो प्रत्यय लागता.

वर्तमान आनी भविश्य हो एकच काळ आसा. काट = 'बांध' ह्या धातूचीं ह्या काळाची रूपां अशीं -

| | **एकवचन** | **भोववचन** |
|---|---|---|
| पयलो पुरूश | काट्वे | काट्वो |
| दुसरो पुरूश | काट्वा | काट्वार |
| तिसरो पुरूश | पु. काट्ट्वे | काट्वेर |
| | स्त्री. काट्वाळ | |
| | न. काट्टुणु | काट्वो |

भूतकाळ, पूर्णभूतकाळ आदी काळ अशेंच तरेचे

Tulu Alphabets

आधुनीक तुळू लिपी

प्रत्यय लागून जातात. नकारवाचक रूपां विशिश्ट प्रत्यय लागून जातात.

अव्यय - अव्ययांतय सिद्ध आनी साधीत अशें प्रकार आसात = कोडे - 'काल', इनि - 'आज', पेट्टिगे = 'रोखडें', कुडा = 'परत'. क्रियापदांक आनी नामांक अद, दाते हे प्रत्यय लावन साधित अव्ययां मेळटात. गुट्टु = 'गुपित' - गुट्टुअद - 'गुपचूप', पोर्लु - 'सोबीत', पोर्लुअद = सोबीत तरेन'.

वाक्यरचणूक - वाक्यरचणूक सादारणपणान हेर भाशां वरीच आसता. कांय उतरां आनी वाक्यां : सोन्ने - 'शून्य', ओंजी- 'एक', एराड - 'दोन', मूजि - 'तीन', नाल - 'चार', आयन - 'पाच', आजि - 'स', एल - 'सात', एण्मा - 'आठ', ओरम्बा - 'णव', पोत्तेजि - 'धा'.

**तुळू साहित्य** : आयच्या काळांत, तुळू भाशेंत व्हडलेंशें साहित्य निर्माण जायना आसलें तरी तुळू साहित्याच्यो कांय पती 15 व्या शेंकड्या सावन मेळटात. 15 व्या शेंकड्यांतलें तुळू 'महाभारत' आनी 'देवी महात्मे' 17 व्या शेंकड्यांतलीं 'श्री भागवत' आनी कावेरी हीं दोन म्हाकाव्यां, तशेंच ब्राह्मण बोलींतले तुळू भाशेंत जाल्लें संस्कृत मंत्रांचें लिप्यांतर ह्यो आदल्या साहित्याच्यो कांय बऱ्यो पती आसात. 13 व्या शेंकड्यांत माध्वचार्यान स्थापीत केल्ल्या उडुपींतल्या अश्टमठांनी त्या काळांत, बरेंच तुळू साहित्य निर्माण जाल्लें अशें एक मत आसा.

तुळू भाशेच्यो पांच मुखेल प्रादेशीक बोली मानपांत येता. 1) दक्षीण - पश्चीम बोली, कासरगोड, 2) दक्षीण - पूर्व बोली, सुल्ला आनी कोडागू 3) दक्षीण मध्य बोली, पुत्तूर, बेलथांग आनी बंटवाल 4) उत्तर - दक्षीण बोली, मंगळूर आनी उडुपी आनी 5) उत्तर - पूर्व बोली, कार्कळ.

तेचप्रमाण हे भाशेच्यो चार सामाजीक बोलीय आसात. 1) ब्राह्मण बोली 2) जैन बोली 3) सामान्य बोली आनी 4) हरीजन बोली.

तुळू भाशीक लोकांचो राबितो चड करून मल्ल्याळम आनी कन्नड प्रदेशांत उरिल्ल्यान तळू भाशेचेर ह्या दोन भासांचो प्रभाव पडप सभावीक जालें. तेच वांगडा तुळू लोकांनी आपली शिक्षणीक, साहित्यीक गरज त्या त्या प्रदेशाचे भाशेवरवीं भागयल्ल्या कारणान, तुळू भाशे कडेन तुळू लोकांचें दुर्लक्ष जालें. हाचो परिणाम म्हणून, तुळू साहित्याची फाव तितकी वाड जावंक पावलिना.

तुळू भास, तुळू अस्मिताय आनी तुळू साहित्याचे उदरगती खातीर कय्यारा किन्नाहनाराय हाच्या नेतृत्वाखाला आनी तुळूनाडू होरात समितीच्या नावान तुळू - विकास चळवळ सुरू जाली. हे चळवळी अंतर्गत कांय संस्थाच्या पालवान राश्ट्रीय तशीं जागतीक तुळू संमेलनां आयोजीत जायत आसात. कर्नाटकांत राणी अब्बाक्का तुळू अध्यापन केंद्रय सुरू जालां.

कर्नाटक सरकारान कर्नाटक तुळू साहित्य अकादेमी, स्थापीत करून हे भाशेच्या सर्वांगी उदरगतीक चालना दिल्या. अकादेमी वतीन एक प्रयोग म्हणू, खाजगी शाळांनी, सवे यत्ते खातीर तुळू हो इत्सीक विशय लायला. फुडल्या यत्तां खातीर पाठ्यपुस्तकांची निर्मितीय चालू केल्या.

**- सं. मं.**

**तूप** : दुदापासून तयार जावपी एक पदार्थ. लोणी कडयतकच तातूंतलो उदकाचो अंश वचून उरता तो पदार्थ. दुदापसून केल्ल्या हेर खंयच्याय पदार्थापरस तूप चड दीस बरे स्थितींत उरता. म्हणून उश्ण कटिबंधांतल्या देशांत लोणयापरस तुपाचोच वापर चड करतात.

पयलीं दुदाचें धंय करून धंय कचकचावन लोणी काडटात आनी लोणी कडोवन तूप करतात. तूप कडोवपाक सुमार 80अंश ते 125 सॅ. मेरेन तापमान लागता. 115अंश सॅ. परस चड तापमानाचेर कडयल्ल्या तुपाक करपट वास येता. अशा प्रकारचें तूप भारतांत कांय थारावीक वाठारांनी वापरतात. 120 अंश सॅ. तापमान

दवरून थोडो वेळ लोणी कडयल्यार तुपांतलें कॅरोटीन आनी 'अ' जीवनसत्व नश्ट जायना आनी तूप रवाळ (खरखरीत) जाता. मंदाग्नीचेर लोणी कडयता आसतना वयर उबिल्लो चिखोल काडून उडयतात. बोमाडे येवपाचें थांबतकच तशेंच एक तरेचो वास येवंक लागतकच आयदन सकयल दवरतात. तुपाचेर तरंगपी पदार्थ तळाक बसतकच तूप निवळून घेतात.

घरगुती तूप कडयतना तातूंत हळदीचीं पानां घालतात. हालीहालीं अशें दिसून आयलां की दालचीनी, हळद, लवंग, मिरी, जायफळ वा सूंठ हातूंत विरगळपी प्रतिऑक्सिडीकारक पदार्थ आसतात. ताका लागून तुपाची रूच इबाडना आनी तें चड दीस तिगूंक शकता.

लोणी कडयतकच आयदनाच्या तळाक तांबसो पदार्थ उरता ताका मूर म्हणटात. तातूंत उदक 10.12% वसो 18.30% आनी दुदांतले हेर घन पदार्थ 55.70% आसतात. मिठाय खातीर तिचो उपेग करतात. पूण प्रत्यक्षांत ती मनशान खावपाक योग्य नासता. ती परती शुद्ध केल्यार तिच्यांतलो तुपाचो अंश काडून ती शाबूनिर्मिती खातीर वा जनावरांचें खाद्य म्हणन उपेगी पडटा.

रवाळपण, रंग, स्वरूप हांचो तुपाच्या मोलाचेर परिणाम जाता. गायचें तूप हळडुवें जाल्यार म्हशींचें तूप धवें आसता आनी ताका लेव पाचवी सया मारता. रूची वयल्यानय तुपाचें मोल थारायतात.

भारत सरकाराच्या 1954 च्या 'प्रिवॅन्शन ऑफ फूड ॲडल्टरेशन रूल्स' ह्या कायद्या प्रमाण तुपांत सादारणपणान उदक 0.3% आनी वसाम्लां 3.0% हाचे परस चड आसूंक जायना.

तुपाचो उपेग चडसो जेवणा खाणा खातीर विशेश करून मिठाय करपा खातीर करपात. शुद्ध तुपांत 'ए', 'डी' आनी 'इ' हीं जिवनसत्वां आसतात. तुपाचे जायते वखदी उपेग आसात. तुपाक धार्मीक म्हत्वय आसा. होम हवन सारकिल्ल्या धार्मीक कार्यांनी तुपाचो वापर करप जाता. देवा मुखार तुपान भिजिल्ले वातीचे दिवे लावपाची खाशेली आंगवण करप जाता.

जनावरांच्या दुदापसून तयार जावपी तुपाचें प्रमाण उणें जाल्लयान आनी ताचें मोलय चड आशिल्ल्यान जेवणा - खाणा खातीर खऱ्या तुपाच्या जाग्यार वनस्पतीच्या तूप सदृशी तेलाचो वापर करप जाता. गांवगिऱ्या वाठारांनी ह्या वनस्पती तेलाक, तूप आनी दुदापसून जावपी तुपाक गांवठी तूप म्हणटात.

वनस्पती पासून तयार केल्ल्या थारावीक तरेच्या तेलाचो रंग, दाटाय आनी कांय प्रमाणांत गुणधर्म तुपासारके आसता.

वेगवेगळ्या द्रव्यांच्या संस्कारान हजारांनी कर्मां करपी एक द्रव्य. तूप हें गोड, शांत, शीत थंड, अग्नीदीपक, कपवर्धक, वातपित्तशामक आसून शुक्रधातू आनी दोळे हांकां हिताचें. तेज आवाज, याद, रूप, तरणेंपण, शक्त, जीण वाडोवपी, मानसिक दोश निवळावपी आनी शरीर स्निग्ध करपी तशेंच शरिराक हिताचें म्हणून दर दिसा घेवपा सारकें हें द्रव्य अशी तुपाची आयुर्वेदांत महती सांगल्या.

**कोंकणी म्हणी :**

**1) तूप खाता ताचें रूप दिसता.** तूप हो शक्तवर्धक तसो कांत वर्धक पदार्थ. ताचें सेवन करतकच मनशाचे कुडीर ताचो परिणाम जाता. ह्या अर्थातल्यान ही म्हण आयल्या. जो कितेंय बरें वापरता ताचेर ताचो बरो परिणाम जाता असो हे म्हणी फाटलो मतीतार्थ आसा.

**2) खायन तर तुपासीं नातर उपासीं :**

कांय जाणांक उंचेल्या दर्ज्याच्योच वस्ती लागतात. उण्या उर्ज्याच्यो वस्ती वापरचे परस ते वस्ती बगर जावपी गैरसोय सोसतात. अशा लोकां खातीर ही म्हण वापरतात.

**- सं.**

**तूर :** (हिंदी : तुअर, अरहर दाल, गुजराती : तुवेरो, डांगरी, कन्नड : तुवरी, संस्कृत : तुवरिका, तुवरी, आढकी, इंग्लीश - पीजन पी, कज्जन पी, लॅटीन : कजानस कजान, कन्नड : इंडिकस, कूळ :लेग्युमिनोजी,

उपकूज पॅपिलिऑनेटी)

एक कड्डण झाड. हें झाड सादारण 1.2 ते 3 मी. उंचायेचें, वर्सभर वा चड वर्सां जगपी, सांगांचें झाड. ताची संयुक्त पानां तिनदळी आसून दलां लांबट तोंकाचीं आनी गाड पाचवीं आसून पानां सकयले वटेन धवसार आनी लव्हाळ आसतात. फुलां हळडुवीं आसून ऑक्टोबर, डिसेंबर मेरेन तांचो भार आसता.

सांग 3.85, 1.2 सें.मी. वाटकुळी - चेपटी आसता. बियो 3-5 टणक, गुळगुळीत, वाट्कुळसार हळडुव्यो वा धव्यो आसतात. ह्या झाडाची पाळां सरळ जमनींत सकयल वतात. तांची लांबाय 1-1.5 मी. आसता आनी मुखेल पाळाक आनीक ल्हान पाळां येतात. खोड सादारणपणान 1-1.5 मी. उंच आसता. ताका कडांनी खांदयो येवन झोंपावरी झाड तयार जाता. ह्या पिकाच्या मुळाचेर नायट्रोजनयुक्त गांठी आशिल्ल्यान तशेंच मुळां जमनींत खोल वतात देखून जमीन सुदारपा खातीर ह्या पिकाचो उपेग करतात.

तूर हाच्या मूळ स्थाना विशीं निश्चीत म्हायती मेळना, पूण ताचो उगम आफ्रिका खंडांत जालो अशें मानतात. चरकसंहिता (दुसरे शतमान) आनी सुश्रुतसंहिता (तिसरें शतमान) हातूंत तुरीचो उल्लेख आढकी ह्या नांवान आयला. तुवरी ह्या धान्याचो उल्लेख 'मदनविनोद निघंटूत' केल्लो मेळटा. हाचे वयल्यान हें धान्य मुळचें भारतीय आसुंये अशें म्हणटात.

ह्या पिकाची लागवड आफ्रिका, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, हवाई, इस्ट आनी वेस्ट इंडिज जुंवे, भारत आनी उश्ण कटिबंधांतल्या चडशा सगळ्या देशांनी करतात.

तुरीचीं पाळां जमनींत पोंदा वतात देखून जमनी पोंदाची खावड तें झाड खाता. तशेंच तूर हें सांगो दिवपी झाड आशिल्ल्यान ताच्या पाळांक गांठी आसतात. ह्यो गाठी हवेंतलें नत्र घेवन जमनींत सांठोवन दवरतात. देखून ल्हान पाळांचो पिकावळी उपरांत फेरपालट पीक म्हण तुरीचें पीक घेतात.

तुरींत भरपूर अन्नघटक आसतात. तुरिचे दाळिचो रोस (वन्न, वरण) हो सर्रासपणान वापरांत आशिल्लो शिता-कालवण्याचो एक प्रकार. हरव्यो सांगो भाजये खातीर, हरवीं पानां आनी झाडाचो पाचवो भाग गोरवांची खावड वा सावळेचें सारें म्हणून उपेगांत हाडटात. सांगांचें कल्ल आनी फुटिल्ल्या दाण्याचो उरिल्लो भाग गोरवांची खावड म्हण वापरतात. झाडाचीं ताडां पांटले करपाक तशेंच घर शिंवपाक उपेगांत हाडटात.

भारतांत हरभऱ्या फाटोफाट ह्या कड्डणाचो नंबर लागता. तें चड करून उत्तरप्रदेश, मध्यप्रदेश, बिहार, आंध्रप्रदेश, गुजरात, महाराष्ट्र आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांनी सादारणपणान मिश्रपीक म्हूण घेतात. देशांतल्या कड्डणाच्या सगळ्या पिकांचो विचार केल्यार तुरीचो वाठार 10% वयर आसून सगळ्या कड्डणांच्या उत्पादनांत तुरीचें सुमार 13% वयर उत्पादन जाता.

**- सं. मं.**

**तेंडलें** : (मराठी : तोंडलें, हिंदी : कांदुरी, गुजराती : घोष, गलेडू, कन्नड : तोंडलेकाई, तोंडलेबळ्ळी, संस्कृत : बिंबा, पीलपर्णी, तुंडी, इंग्लीश : आयव्ही गोर्ड, लॅटीन : कॉकिसनिया इंडीका, सिफॅलॅड्रा इंडीका, कूळ : कुकर्बिटेसी)

बरीच वर्सां जगपी एक फळभाजी वेल. ही वाल माटवाचेर चडयतात. फुलां एकलिंगी, एकटुकीं, धवीं वा



हळडुवीं, घांटीवरी आसून ऑगस्ट ते सप्टेंबर म्हयन्यांत येतात. फळां 2.5 ते 5 सें.मी. लांब आनी 1.5 ते 2.5 सेमी. जाडायेची, लांबट, दोनय वटांतलीं तोंकां अशीर आसतात. तन्नीं आसतना हीं फळां पाचवीं आसून तांचेर धव्यो उब्यो ओळी आसतात. ह्यां फळांत हळडुव्यो, चेपट्यो आनी लांबट अश्यो जायत्यो बियो आसतात. तन्या तेंडल्याचो गर धवसार तर पिक्या तेंडल्याचो गर तांबसार आसता.

बागो, शेतां आनी पोरसांनी ही वाल लावन फुडें दर वर्सा तिचीं फळां मेळोवं येतात. रानांतय ही वाल जाता. पूण तिचीं फळां कोडू आसतात.

तेंडलें ह्या फळाचो प्रकार भारत, श्रीलंका, मलेशिया आनी आफ्रिकेंतल्या उश्ण वाठारांत आसा. कोंकणांत जळीं मळीं पोरसांनी आनी भाज्यां-मळांनी हाची लागवड करता.

फळांपासून भाजी करतात. तातूंत जीवनसत्वां आसतात. मुळाची साल सारक आसता. कातिच्या रोगाक भायल्यान तेंडल्याची पानां वांटून लायतात.

- **सं. मं.**

**तेंडुलकर विजय :** (जल्म : 6 जानेवारी 1928, मुंबय)

कोंकणांतलो नामनेचो लेखक आनी अखील भारतीय किर्तिचो नाटककार. ताचे शिक्षण मुंबय, पुणे, कोल्हापूर हांगा जालें.

भुरगेंपणांतच ताचेर घरांतल्या साहित्यप्रेमी वातावरणाचे संस्कार जाले. बापायच्या पुस्तकांच्या दुकानांत बसून मुद्रितां तपासतनाच साहित्य आत्मसात करपाचे आनी बरपाचे धडे ताका मेळळे. एका छापखान्यांत मुद्रितशोधक म्हण काम करपी तेंडुलकर आपल्या अभ्यासू, चिकित्सक वृत्तिच्या म्हालवजार, 'दिपावली' सारक्या वाचकप्रिय म्हयन्याळ्याचो संपादक जालो. 'मराठा', 'लोकसत्ता' ह्या वर्तमानपत्रांत ताणे काम केलें. एकांकिका लेखनांतल्यान ताणे आपल्या लेखनाक



सुरवात केली. 'रात्र' ही ताची पयली एकांकिका. उपरांत ताणें 'अजगर आणि गंधर्व' (1966), भेकड आणि इतर एकांकिका' (1969), 'पाटलाच्या पोरीचे लगीन', (1965), 'चिमणा बांधतो बंगला' (1966), 'चांभार चौकशीचे नाटक' (1970), मुलांसाठी तीन नाटीका (1973) आदी कांय बालनाट्यां बरोवन उजवाडाक हाडलीं. हाचेभायर ताणें विल्यम्स हाच्या स्ट्रीट कार नेम्ड डिझायर चो 'वासनाचक्र', मोहन राकेश हाच्या 'आधे अधुरे', गिरीश कार्नाड हाच्या 'तुघलक' हांचो ताणें मराठींत अणकार केलो. तशेंच 'आक्रोश', 'सरदार', 'कमला', 'गहराई' ह्या चित्रपटांच्यो पटकथा तेंडुलकरान बरयल्यो.

''उन्हे'' (1971), ''रातराणी'' (1971), ''फुगे साबणाचे'' (1974), ह्या सारके स्फुट ललितनिबंधाचे झेले उजवाडाक हाडले. ''काचपात्रे'' (1958), ''द्वंद'' (1961), ''मेषपात्रे'' (1965), ''फुलपाखरू'' (1970) आदी कांय लघुकथाय ताणें बरयल्यो.

ताचें पयलें नाटक ''श्रीमंत'' (1955) हाका खुबूच नामना मेळ्ळी. उपरांत 'माणूस नावाचे बेट' (1956), 'मधल्या भिंती' (1958), 'चिमणीचं घर होतं मेणाचं' (1960), 'मी - जिंकलो - मी हरलो' (1963),

'कावळ्याची शाळा' (1964), 'सरी ग सरी' (1964), 'एक हट्टी मुलगी' (1967) हीं नाटकां रंगमाचयेर हाडलीं. 1968 त ताणें 'शांतता कोर्ट चालू आहे' हें नाटक रंगमाचयेर हाडून राश्ट्रीय पांवड्यार नामना जोडली.

ताचे उपरांत ताणें 'अशी पाखरे येती' (1970), 'गिधाडे' (1971), 'सखाराम बाईंडर' (1972), 'घाशीराम कोतवाल' (1973), 'दंबद्वीपचा मुकाबला' (1974), 'भल्याकाका' (1974), आनी 'बेबी' (1976), हीं नाटकां बरयलीं.

'कादंबरी एक' (1996) ही कादंबरी ताणे बरयली. स्त्रीपुरूष संबंदाचो तटस्थपणान वेध घेवपी ही कादंबरी आसा. ह्या कादंबरींतल्यान स्त्री-पुरश नात्याची अपरिहार्यता, तातूंतली सनातन गुंतागूंत स्पश्ट जाता. तशेंच पुरूशांच्या आक्रमक अहंकारा वांगडा ताचें दुबळेपण आनी उणेपणय प्रगट जाता. आनी त्याच वेळा वाचकांक सर्जनशील अश्या आदिम स्त्रीशक्तीचोय प्रत्यय येता.

ताणे जॉन पॅट्रिक हाच्या ग्रंथाचो 'लोभ नसावा ही विनंती' जाल्यार टेनेसी विल्यम्स हाच्या ग्रंथाचो ''वासनाचक्र'' हो अनुवाद केलो. तशेंच ''देवाची माणसे'', ''लिंकनचे अखेरचे दिवस'' हे अणकारीत ग्रंथ बरयले.

पत्रकार, नाटककार, कथाकार, लघुनिबंधकार, पटकथाकार म्हण तेंडुलकरान साहित्य सेवा केली. 29 नाटकां, 25 एकांकिका, 12 बालनाट्यां, लघुनिबंध आनी लघुकथासंग्रह तशेंच कादंबरी ही तेंडुलकराची साहित्य संपदा आसा.

तेंडुलकरान आपल्या नाट्यलेखनांत इब्सेनप्रणीत तंत्राचो अवलंब केलो. ताचो परिणाम म्हणजे रंगमाची चड साक्षेपशील जाली. रंगमाचयेक ताणे वास्तवाचें अधिष्ठान दिलें. दैनंदिन साध्या घटनेंतले नाट्य आवर्जून मुखार हाडलें. उपेक्षीत व्यक्तींच्या जिवनांतलीं सुख-दुख्खां दाखयलीं. बोलीभाशांतल्या व्यंजन सामर्थ्याचेर भर दिली आनी पोरन्या नव्याचो समतोल सादलो. अनुवादा वरवीं समकालीन भारतीर रंगमाचये कडेन संवाद सादलो. लघुनिबंधावरवीं समग्र शारी जिवनांतल्या सामाजीक आशयाचो वाङ:मयीन अविश्कार केलो. विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतल्या मराठी साहित्याचेर तेंडुलकाराचो प्रभाव साकार जाल्लो आसा.

तेंडुलकराक संगीत नाटक अकादमी पुरस्कार, कमलाबाई चट्टोपाध्याय पुरस्कार, जनस्थान पुरस्कार, गडकरी पुरस्कार, सरस्वती पुरस्कार, कथा चुडामणी पुरस्कार अशे साहित्य क्षेत्रांतले नामनेचे पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

**- सं. मं.**

**तेंडुलकर सचिन :** (जल्म 24 एप्रिल 1973, मुंबय)

कोंकणांतलो जागतीक किर्तिचो भारतीय क्रिकेटपटू. 11 व्या वर्सा तो मुंबयंतल्या शारदाश्रम शाळेच्या कनिश्ट संघा वतीन हॅरीस शिल्डांत खेळ्ळो आनी तातूंत ताणें पयल्या शतकाची नोंद केली. ह्याच खेळांत ताची खेळाची चमक दिसून आयली आनी ताचें भवितव्य उजळ आसा हें जाणवलें. 13 व्या वर्सा ताची मुंबयच्या संयुक्त संघांत निवड जाली. आनी 15 वर्सां सकयल्या विजय मर्चंट ट्रॉफितय खेळपाची संद ताका मेळ्ळी. उपरांत ताची पश्चिम विभाग संघात निवड जाली. तातूंत खेळिलल्या बऱ्या खेळाक लागून अखील भारतीय शिक्षण शिबिरा खातीर ताची निवड जाली.

14 व्या वर्सा (1987) ताची निवड मुंबयच्या रणजी ट्रॉफी संघांत जाली. त्याच वेळा तो पश्चिम विभागाच्या 15 आनी 17 वर्सां सकयल्या आंतरविभागीय सर्तींत खेळटालो.

15 व्या वर्सा हॅरीस शील्ड शाळेंतल्या सर्तींत ताणें विनोद कांबळी वांगडा बिनबाद 664 धावांची विक्रमी भागिदारी केली. तेन्नाय ताणें आयुश्यांतलें पयलें त्रिशतक



(नाबाद 328) आपल्या नांवार केलें. 15 व्या वर्सा म्हणजे 1988 वर्सा रणजी ट्रॉफींत प्रत्यक्ष पदार्पण केलें आनी गुजरात आडच्या पयल्याच सामन्यात शतक केलें. 1988 वर्साच्या अखेरेक तो स्टार संघावतीन इंग्लंडांत वचून कांय सामने खेळून आयलो. परत 1989 वर्सा ताणे इंग्लंडाचो दुसरो दौरो केलो.

16 व्या वर्सा इराणी ट्रॉफींत शेष भारत संघांत ताची निवड जाली. आनी त्या सर्तीच्या पयल्याच सामन्यांत ताणे शतक काडलें. असो मान मेळोवपी तो सगळ्यांत अल्पवयीन खेळाडू थारलो. उपरांत 15 नोव्हेंबर 1989 वर्सा ताणे कसोटी सामन्यांत पयलें पावल घालें. त्यावेळार ताची पिराय 16 वर्सां आसली.

भारतावतीन टॅस्ट खेळपी तोच सगळ्यांत ल्हान पिरायेचो खेळाडू आशिल्लो. उपरांत तो उमेदीन फुडें फुडें वचत रावलो.

1996 वर्सा ताच्या हातांत भारतीय संघाचे नेतृत्व सोपयलें. ताच्या नेतृत्वाच्या काळांत भारतान ऑस्ट्रेलियाचेर एक जैत आनी दक्षिण आफ्रिकेचेर दोन जैतां मेळयलीं. पूण दक्षिण आफ्रिका आनी उपरांत वेस्ट इंडिजच्या दौऱ्यांत ताच्या संघाचो पराभव जालो.

10 जानेवारी 1998 वर्सा ताचे कडल्यान कप्तानपद काडून घेतलें. पूण 1999 वर्सा वर्ल्ड कप सर्त सोपल्या उपरांत परत ताचे कडेन नेतृत्व सोपयलें. ऑस्ट्रेलियाच्या दौऱ्यांत दारूण पराभव जाल्या उपरांत पराभवाची नैतीक जापसालकी स्विकारून 20 फेब्रुवारी 2000 दिसा ताणे कप्तानपद सोडपाची घोशणा केली.

धावांच्या बाबतींत भारतीय क्रिकेटींत ताचो पयलो क्रमांक आसा. एका दिसाच्या सामन्यांत तर तो जगांतलो एक विक्रमी वीर थारला. ताच्या शतकांची आनी धावांची सगळ्यांत चड संख्या आसा. ताणे 16 मार्च 2012 दिसा, बांगला देशांतल्या शेर-ए-बांगला स्टेडीयमाचेर बांगला देशा आड आपलें शंबरावें शतक करून आंतरराषश्ट्रीय क्रिकेट मळार शंबर शतकां पुराय करपी पयलो क्रिकेटर जावपाचो मान जोडलो. ताका ऑस्ट्रेलिया सरकारान 'ऑर्डर ऑस्ट्रेलिया' हो पुरस्कार (2012) दिलो. भारत सरकारान ताका लोकसभेचो मानद वांगडी (खासदार) (2012) करून घेतलो.

आंतरराष्ट्रीय क्रिकेटिंत ब्रायन लारा, स्टीव्ह वॉ, माईक आथरटन, अरविंद डिसिल्वा, डॅरील कलिनन अशें एका परस एक रथी महारथी आसतना जगांतलो सर्वश्रेश्ठ फलंदाज म्हण सगळे टिकाकार सचिनाक मानतात.

**- सं. मं.**

**तेंफळ :** (मराठी : तिरफख, त्रिफळ, चिरफळ, ठेसूळ , हिंदी : बद्रंग, कन्नड : जुम्मिना, जिम्मिनर, संस्कृत : तिक्ता, लॅटिन : झॅथोझायलम हेटसा, कूळ : रूटेसी)

एक मध्यम आकाराचें काटेरी फळ झाड. ह्या झाडाचे जून सालीवयले कांटे शंकूवरी आसून साल भेगाळ आनी मोव आसता. खांदयो जायत्यो आनी पातळिल्ल्यो आसून तांच्या तोंका कडेन जायतीं एका आड एक संयुक्त आनी पिसावरी झुपक्यांनी पानां येतात. फुलां एकलिंगी आनी द्विलिंगी, ल्हान, हळडुवीं आसतात. जुलय-ऑक्टोबर म्हयन्यांमदीं हीं फुलां येतात. फळां शुश्क, वाटकुळीं, जांबळट, काळीं आनी चकचकीत आसतात.



ह्या झाडाचीं हेर शारिरीक लक्षणां रूटेसी वा सताप कुलांत वर्णिल्लेप्रमाण आसात.

उदेंत आनी अस्तंत भारतांत चड करून दाट रानांत हें झाड आसता. ह्या झाडाचें लाकूड हळदुवसार आशिल्ल्यान ताका त्या अर्थाचें वंशवाचक नांव दिल्लें आसा.

फळाक मिरमिरीत वास येता. ताचो उपेग रांदपांत करतात. तेफळां घालून केल्ल्या जेवणाच्या पदार्थाक बरो वास येता. आनी रूचय बरी येता. देखीक खतखतें, नुस्त्याचें सुकें, हुमण आदी. फळांतलें तेल वखदी आसता. जून फळ स्तंभक, उत्तेजक, भूक वाडोवपी आसून संधीवाताचेर म्होंवा वांगडा दितात. मुळाची साल मुत्रपिंडाच्या विकाराचेर उपेगी पडटा.

आदल्या काळांत जित्या कोंड्याचे नळयेपासून फटास करताले. हे फटासेंत तेंफळ घालून तें नळयेच्या दुसऱ्या तोंका कडेन दवरताले. उपरांत पयल्या तोंका कडेन आनीक एक तेंफळ दवरून तें कोंड्याचे बडयेन नळयेंत दाबल्या उपरांत दोनूय तोंका मदल्या नळयेंतल्यान हवेच्या दाबान दुसऱ्या तोंका कडचे तेंफळ आवाज काडून नेटान भायर सरतालें.

**- सं.**

**-पुरक नोंद : फटास**

**तेरें : पळयात → आळूं**

**तेरेखोल किल्लो : पळयात → परिशिश्ट**

**तेल : 1)** द्रव रूपी, घनरूपी आनी अर्द घनरूपी कार्बन संयुगाचो एक वर्ग. द्रवरूपी संयुगांक सर्वसादारणपणान तेलां म्हणटात आनी जीं अर्द घन वा पुराय घनरूपी आसतात तांकां चरबी म्हणटात.

अन्न, जळण, वंगण, रंग आनी वखद म्हणून तेल आनी चरबिचो उपेग खूब आदीं सावन मनशाक खबर आसा. ख्रिस्ता आदीं 1400 त ईजिप्ताच्या लोकांनी तेलाचो वंगण म्हणून उपेग केल्ल्याची नोंद मेळटा. होमर हाणें विणकामाक मदत करपी म्हूण तेलाचो उल्लेख केल्लो आसा.

प्लिनी (इ. स. 23-79) हाणें आपल्या हिस्टोरिया नेचरालीस ह्या रोम ग्रंथांत मोव आनी घट साबणाचो उल्लेख केला. सव्या शेंकड्यापसून 'टॅम्पेरा' ह्या रंग पद्दतींत तेल आनी चरबी वापरप जाताली. लाकूडकामाक संरक्षण थर म्हणूनय तेलाचो वापर खूब आदींसावन जायत आसा.

भारतांत यज्ञाचे आहुती खातीर तुपाचो वापर करप जाल्लो. आयुर्वेदांत तुपाक एक शक्तीशाली अन्न घटक म्हटलां. एंडेलाचो उपेग रेचक (भायरी) आनी वंगण म्हणून वापरपाची खूब व्हडलीं परंपरा आसा. चीन, भारत, ग्रीक, रोमन, ईजिप्शीयन ह्या देशांच्या पुर्विल्ल्या इतिहासांत तेल काडपा खातीर वापरिल्ल्या वान (वायण), घाणो, दाब यंत्रासारकिल्ल्या आयुधांची म्हायती मेळटा.

वनस्पतीजन्य तेलां आनी चरबी मुखेल करून फळाचो गर आनी बियांचो गर हांचेपसून मेळटा. तातूंतल्या तातूंत बियांच्या गरापसून मेळपी तेलां आनी चरबेचें प्रमाण चड आसता. कांय झाडांचें खोड, मुळां, फुलां हांचेपसून तेल आनी चरबी मेळटा. पूण तांचें प्रमाण साप उणें आसता.

तेलां आनी चरबी ही मोनजात (जलचर आनी स्थलचर) आनी वनस्पतींपसून मेळटा. उदकांतलें सगळे तरेचें नुस्तें तशेंच कुल्ल्यो, मानग्या सारकें हेर प्राणी हांचे

कुडींत तेल आनी चरबेचो अंतर्भाव आसता. तेचप्रमाण स्थलचर मोनजातींत सगळ्यां तरांच्या आनी सगळ्यां आकारांच्या ल्हान व्हड जिवांत (जनावरां, पक्षी, जिवाणीं) चरबी मेळटा. एकंदर कुडिंतली चरबी विशिश्ट अवयवांतली चरबी हांचे वांगडाच सस्तन प्राण्यांच्या बाबतींत दुदांतली चरबी मेळटा.

बुळबुळीत स्पर्शाची जाणीव, उदकांत ना विरगळपी पूण थरावीक कार्बनी पदार्थांत विरगळपी अशा गुणधर्माच्या, मोनजातींत तशेंच वनस्पतींत सांपडपी लिपीड ह्या व्यापक वर्गाचो तेलां आनी चरबी हो एक उपविभाग आसा.

लिपीड वर्गाभायरच आनीक दोन तरांचे तेलाचे प्रकार आसात. वाफेच्या रूपान उडपी तेलां आनी खनीज तेलां. चंदनाचें तेल आनी हेर वासाचीं तेलां पयल्या वर्गांत येतात. रसायनिक नदरेक दोगांयमदीं फरक नासता. ग्लिसरीन (glycerine) आनी मेदाम्लां (jatty acid) हीं एस्टरां आशिल्ल्यान ताका ग्लीसरायड (glycerids) म्हणटात. तेलां नितळ रूपान रंगहीन, गंधहीन आनी पारदर्शक आसतात.

तेलां एस्टर वर्गाचीं संयुगां आशिल्ल्यान ताका क्षाराच्या योगान ताचें विच्छेदन जाता. अशें तरेचें विच्छेदन (disintegration) हें उदका वरवी (जलीय विच्छेदन), आल्कोला वरवीं (आल्कोलीक विच्छेदन) आनी हायड्रोजनावरवीं (हायड्रोजनीय करण) करतात.

चरबीयुक्त पदार्थापासून चरबी, तेल काडपाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसात. रेड रिंग (उकळप) हे पद्तींत भोवतेक प्राणिजन्य पदार्थांतल्यान चरबी-तेल काडटात. घाणो सारकिल्ल्या पिळवटपी यंत्रांत वा तत्सम दाब यंत्रात वनस्पती जन्य पदार्थांपसून चरबी तेल काडटात. कांय पदार्थांच्या बाबतींत विद्रावकान (Solution) केल्ल्या निश्कर्शणावरवीं (extraction) तेल चरब काडटात. प्राथमिक अवस्थेंत तेलां, चरबी अशुद्ध आसतात. उपरांत तांचें शुद्धीकरण करप जाता. खावपाचीं तेलां, चरबी शुद्ध केले बगर वापरप जायनात.

हायड्रोजनीकरण ही तेल शुद्धीकरणाची एक मुखेल पद्दत जावन आसा. ताचेच जोडयेक विद्रावी उदासिनीकरण (Neutralisation), शीतलीकरण (winterisation), ह्यो पद्दती वापरप जातात.

तेल आनी चरबी हांचो सगळ्यांत चड उपेग अन्न घटक म्हणून जाता. तेल, तूप, लोणी जशाक तशें वा ताचे पसून तयार केल्ले पदार्थ सर्रासपणान संवसारभरचे लोक वापरतात.

दिव्याचें जळण, शाबू उत्पादन, मेणवाती, कापड उत्पादन, कागद उत्पादन, सौंदर्य प्रसाधनां उत्पादनां, रंग उत्पादन, प्लास्टिक उत्पादन, रबर उत्पादन, कातडी उत्पादन, वखदां उत्पादन, जिवनसत्वां उत्पादन आनी हेर उत्पादनां खातीर तेलां वापरतात. खनीज तेल मुखेलपणान इंधन म्हणून वापरतात.

कोंकणांत मुखेलपणान खोबरेल (नाल्लांच्या सुक्या खोबऱ्याचें) भिंडेल (भिण्णांच्या बियांचे) खश्टेल (खश्टांच्या बियांचें) आनी तिळेल (तिळांचें) ह्या तेलाचें उत्पादन आनी वापर करतात.

- सं. मं.

**पुरक नोंद : खश्टेल (खश्ट), खोबरेल, तिळेल (तीळ), भिंडेल (भिरंड), तेल.**

**तेल 2 (धार्मीक लग्नविधी) : पळयात → लग्न**

**तेलवण : पळयात → लग्न**

**तेल हळद : पळयात → लग्न**

**तेलंग, काशिनाथ त्र्यंबक :** (जल्म : 30 ऑगस्ट 1850, मुंबय, मरण : 1 सप्टेंबर 1893, मुंबय).

प्रखर बुद्धिमान पंडित, प्राच्यविद्या संशोधक, कायदेतज्ञ, समाजसुधारक, राजकीय विचारवंत आनी

भारतीय काँग्रेस पक्षाचो एक संस्थापक. ताचो जल्म मध्यमवर्गीय गोमंतकीय घराण्यांत जालो. काशीनाथाच्या काकाक भुरगीं नाशिल्ल्यान ताणें काशीनाथाक पोसको घेतलो.

शाळेंत आसतना काशीनाथ तेलंग इंग्रजी आनी संस्कृत विशयांत हुशार आशिल्लो. मॅट्रिकेच्या परिक्षेंत संस्कृत विशय घेवन उत्तीर्ण जावपी तो पयलो विद्यार्थी. 1868 वर्सा इतिहास आनी अर्थशास्त्र हे विशय घेवन तो एल्फिनन्सटन कॉलेजांतल्यान बी. ए. जालो. उपरांत 'भगवानदास पुरूषोत्तमदास पुरस्कार' ही एकदम कठीण अशी संस्कृताची परिक्षा तो पास जालो. सातत्यान पयल्या क्रमांकान उत्तीर्ण जाल्ल्यान ताका खूब शिश्यवृत्त्यो आनी बक्षिसां मेळ्ळीं.



वयाच्या बाविसाच्या वर्सा एल एल बी. ची परिक्षा पास जावन ताणें हायकोर्टांत वकिली सुरू केली.

एकविसाच्या वर्सा तो मुंबय नगरपालिकेचो सभासद जालो. कायदो, इतिहास, राज्यशास्त्र, भाशा, साहित्य ह्या विशयांचो ताणें सखोल अभ्यास केलो. संशोधन क्षेत्रांत लेगीत ताणें मोलाचें काम केलें.

वयाच्या 32 व्या वर्सा तो मुंबय कायदो मंडळाचो सभासद जालो. ताणें बॉम्बे प्रेसिडेन्सी असोसिएनशाची स्थापना केली. इ. स. 1889 वर्सा मुंबय हायकोर्टाचो न्यायाधीश म्हण ताची नेमणूक जाली.

हिंदू कायद्यांतल्या सुदारणांचो ताणें पुरस्कार केलो. संमती पिरायेच्या बिलाचोय ताणें नेटान पुरस्कार केल्लो. 15 ते 16 वर्सां मेरेन चलयांचे लग्न जावंचें न्हय अशें ताचें मत आशिल्लें. तो समाजीक सुदारणेचो पुरस्कर्तोआशिल्लो. स्त्री-शिक्षण, विधवा विवाह, स्त्री-विमोचन हे विशीं तो सदांच फुडाकार घेताले. जातिचीं बंधनां सदळ जावंची अशेंय ताचें मत आशिल्लें. त्या काळांतल्यो विंगड विंगड संस्था आनी चळवळीं कडेन ताचो लागिंचो संबंद आशिल्लो. स्टुडंटस लिटररी ॲण्ड सायण्टिफिक सोसायटीचो तो 1872 ते 1889 मेरेन कारभारी आशिल्लो. ह्या काळांत ताणें स्त्री-शिक्षणाच्या कार्याक गती दिली. मुंबय विद्यापीठाच्या सिनेट आनी सिंडीकेटिचो तो कितलींशींच वर्सां वांगडी आशिल्लो. ताणें तयार केल्ल्या अभ्यासक्रमाच्या आराखड्याक विद्यापीठान इ. स. 1892 वर्सा मान्यताय दिली.

मुंबय महानगरपालिकेच्या कारभारांत सुदारणा करपाच्या कामांत ताणें मुखेलपणान वांटो घेतिल्लो. हिंदू समाजांतल्यो सगल्यो जाती, उपजाती एकठांय हाडपाच्या हेतान ए. स. 1888 वर्सा ताणें हिंदू युनियन क्लबाची स्थापणूक केल्ली. समाजांत नव्या विचारांचो प्रसार जावन लोकजागृताय जावंची ह्या हेतून ताणें मुंबय हेमंत व्याख्यानमाळ सुरू केली.

मराठी भास आनी वाङ:मय हांचे उदरगती खातीर ताणं 'महाराष्ट्र भाषा संवर्धक मंडळी' ची स्थापणूक केली. ''शास्त्र व रूढी यांच्याविशीं बलाबल विचार'' आनी ''सामाजिक विषयासंबंधी तडजोड'' हे धार्मीक सुदारणाविशीं मांडिल्ल्या विचारांचे ताचे मराठी ग्रंथ खूब गाजले. भर्तूहरीची 'नीती व वैराग्य शतके' आनी 'मुद्राराक्षस' नाटक हे ताचे संपादीत ग्रंथ. 'शहाणा नाथन', 'स्थानीक स्वराज्यव्यवस्था' हे ताचे अणकारीत ग्रंथ आसात. ताचे चडशे ग्रंथ अणकारीत स्वरूपाचे आसात.

ताणें इंग्लिशींतूय खूब लिखाण केलां. मॅक्समुल्लरच्या प्राच्च धर्म ग्रंथभाशेंत भगवद्गीता आनी अनुगीता हे तेलंग हाणें केल्ले अणकार उजवाडा आयिल्ले. ताचे कांय स्फुट लेख 'जर्नल ऑफ द रॉयल एशियाटिक सोसायटी' आनी 'इंडियन ॲंटिक्वॅरी' ह्या नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयले. ताचीं व्याख्यानां पुस्तक रूपान उजवाडाक आयल्यांत. "खुला व्यापार की संरक्षण" (1877) आनी "आधी सामाजीक सुधारणा की राजकीय सुधारणा" (1885) हीं ताचीं व्याख्यांन खूब गाजलीं. आपले ल्हान पिरायेंत ताणें व्हड वावर करून लोकांचो आत्मविस्वास वाडयलो.

- **सं. मं.**

**तोणयांमेळ** : गोंयचो एक लोकनाच प्रकार.

हो चड करून गोंयांत शिगम्यवेळार जाता. तोणयांच्या तालार तालगडी नाचा भशेन हो नाच करतात.

तोणयो चडकरून कोंड्या पसून तयार केल्ल्यो आसता. त्यो लांबायेन सुमार बारा इंचाच्यो आसता. एक गट तयार करून हो नाच सादर करतात. चड करून हातूंत दादले खेळटना दिसतात. हो नाच करतना कमराक कांसाट्याचें धोतर, धवो सदरो आनी तकलेक तुवाल्याचो 'मुंडासो' असो भेस करतात. गळ्यांत आनी हातांत आबोल्यांचे झेले घालतात. तशेंच मुंडाशाकूय आबोल्यांचे झेले खोयतात. पांयांक घुंगरू बांदतात.

नाचता आसतना तोणयां वांगडा घुमट, समेळ, कांसाळें, झांज हांची साथ आसता. केन्नाय शेनाय आनी सूर्त आसता.

तोणयांमेळ खेळांत आठ नाचप्रकार सादर करतात. चौरंग हे पद्दतीन :

गुरूसी रामराम केला रे गुरू
खेळयाची तोणी दिला मू'.

ह्या उतरांनी ह्या नाचाक सुरवात जाता.

उपरांत,

'विश्वामित्र शोभे आला
मागतो माझ्या रामाला
घाटा वयल्या बायला कोणकोण शिंगा
'म्हादेवा देवळां भांगरा लिंगा...'
रयबार रयबार मना रे पापी
झितांची झितमार दिना मू
कोलो ननाना सोंगे नवले
कोलो ननानी कोलो ननानी श्री गे नवले

हे सारकीं पुराय अर्थ मेळनाशिल्लीं पदां म्हणटात. सामाजीक चालणुकीचेर उजवाड घालपी वा बकच्छायो करपी गितांय म्हणटात. पूण चड करून गितांनी रामकृष्ण, रूक्मिणी, पांडुरंग ह्या देवांचो उल्लेख आसता. वाठारांप्रमाण हीं पदां बदलतात.

शिगम्या वेळार देवळाचे मुखा वयले सुवातेर वा व्हडा आंगणांत तोणयांमेळ खेळटात.

तोणयांमेळांतलें गडे वाटकुळेच एकामेकांक फुडो करून उबे रावतात आनी मुखावेल्याचे तोणयेर तोणी मारीत तालगडी सारकेच नाचतात.

हो कठीण असो नाचप्रकार आशिल्ल्या कारणान हालीं तेंपार तोणयांमेळ खेळप उणो जाला. तरी आसतना कांय गांवांनी तोणयांमेळ खेळटात. काणकोण आनी पेडणें वाठारांत ताणयांमेळ खेळपी खांपे गडे मेळटात. तोणयांमेळ नाच आनी टिपरी, दांडीयारास, गर्बा नाच ह्या नाचामदीं सारकेंपण दिसता.

- **सं. मं.**

**पुरक नोंद : 1) तळी - 2) टिपऱ्यो**

**तोय : पळयात → वरण**

**तोरण** : घराच्या वा माटवाच्या मुखेल दाराचेर आंब्याचीं पानां, फुलांच्यो माळो बांदून जी सजावट करतात ताका तोरण म्हणटात.



प्लास्टीक तोरण

तोरण हें मंगलकारक मानतात. देखून सादारणपणान मंगलकार्य, तेचपरी धार्मीक वा सामाजीक सुवाळ्यावेळार घराच्या वा माटवाच्या मुखेल दाराक तें लायतात.

संस्कृत साहित्यांत अशा तोरणांचो उल्लेख जायते कडेन मेळटा. कालिदासाच्या मेघदुतांत इंद्रधनुश्या सारक्या सुंदर तोरणाचो उल्लेख आयला. तोरणा वयल्यान तुकां आपलें घर सारकें वळखूंक येतलें अशें तो मेघाक सांगता -

**तत्रागारं धनपतिगृहानुत्तरेणास्मदीयं**
**दुराल्लक्ष्यं सुरपतिधनुश्चारूणा तोरणेन।**

तोरणाचीच फुडें उदरगत जावन कालांतरान कमानीवरी तोरणां बांदपाची चाल सुरू जाली. शींवासनां, रथ, प्रवेशदारां आदी जाग्यांचेर हीं तोरणां कोरिल्लीं वा बांदिल्लीं मेळटात. हीं तोरणां सोबाये खातीर आसतात. वाटकुळीं, अर्दवाटकुळीं, त्रिकोणी, धोणवाकार अशे तांचे तरेकवार प्रकार मेळटात.

तोरणां तयार करपाचें तंत्र आनी तांचीं मापां मानसार ह्या ग्रंथांत सविस्तर दिल्लीं आसात. थंय तोरणाचे चार वर्ग दिल्यात ते अशे - 1) पत्र तोरण 2) पुश्प तोरण 3) रत्न तोरण 4) चित्र तोरण.

तोरणांचेर पानां, फुलां, रत्नां, देव, यक्ष, किन्नर, नुस्तें, सोरोप, शींव आदींच्यो आकृतायो कोरिल्ल्यो आसतात. हाचे वयल्यानच तांकां तीं नांवां मेळ्ळ्यांत. दोन खांब्यांचेर तिट्टी कमानी बांदून ताच्या मदल्या जाग्यार जाळीदार नक्षी केल्ली आसता. हाका जाळें तोरण म्हणटात. आनी अशा तोरणांचो उल्लेख रामायणांत मेळटा.

साची आनी भरहूतच्या स्तुपां भोंवतणी ज्यो वेदिका आसात, तातूंत जायतीं तोरणां बांदिल्लीं दिसतात. तांचेर बुद्धाचे जिणेंतले प्रसंग तशेंच जातकांतल्यो आनी इतिहासांतल्यो घडणुको कोरिल्ल्यो आसात. तातूंत बुद्धाचे पांय, आसन, बोधिवृक्ष, धर्मचक्र हीं ताचीं प्रतिकां आसात. पूण ताची मूर्त मात खंयच दिसना.

जैन तीर्थकरांचे मुर्ती वयर जी त्रिकोणी कमान आसता तिकाय तोरण म्हणटात. ही दोन खांब्याचेर आदारिल्ली आसून तिचेर कोरीव काम आसता. ह्या तोरणार सदांच कळस आसता.

आर्विल्ल्या काळांत तरेकवार तोरणांचे प्रकार घराघरांनी सणां-परबां वेळार लायिल्ले दिसतात. मुळांत तोरण म्हणजे एका दोऱ्यार आंब्याची पानां आनी मदीं रोजां गुंथून दारार केल्ली आरस. एक-दोन रोजां सोडून मदीं आंब्याचीं पानां घालप. हीं पानां रोजांमदीं घालपाची एक विविश्ट पद्दत आसा. एकदां रोजां सूय-सुतान गुंथून घेतल्या उपरांत जाय तितल्या रोजांमदीं सुवात सोडून आंब्या पानाचो फुडलो भाग स्वतावटेन दवरतात आनी देठ परतून पानाक देठाच्याच आदारान बुराक करतात. तो देठ फाटल्यान तोंपून फुडल्या भागा वटेंतल्यान भायर



पानां - फुलांचें तोरण

सरता. अशें केल्ल्यान पान दोऱ्याक गुंथूंक मेळटा. सूय-सुताची गरज लागनासतना दोऱ्याक गुंथूंक मेळटा. तेचपरी हालींसरा वीणकाम केल्लीं तोरणां वापराची पद्दतय आयल्या. जंय बावल्यो, फुलां, फळांचो आकार दिवन तोरण तयार करतात. प्लास्टीकांचींय तोरणां करतात. हांचेच जोडयेक शिंपयो, शंख, हारशे आनी कपडो घेवन कपड्याचेर चमक्यो, हारशे लावन तोरणं करतात. तशेंच माती, खास करून चिनी मातयेपसून सुर्याचो आकार, चंद्राचो आकार वा वेगवेगळ्या मोनजातींचो, सवण्यांचो आकार दिवन तोरण तयार करतात.

गोंयांत, विशेश करून अंत्रूज म्हालांतल्या देवळाच्या प्राकाराच्या प्रवेश-दारार, फळफळावळिचें तोरण बांदपाची परंपरा आसा. हें तोरण देवळाचे जात्रेक वा हेर खंयच्याय मुखेल उत्सवा दिसांनी बांदतात. माडयेच्या चार उब्या मेडींचेर, आडवे कोंडे बांदून तांकां बेड्यांचो कातरो, केळ्यां घड, नाल्ला पेड, तोरिंगा, दुदी सारकीं फळां बांदतात.

**तोरींग** : (मराठी : पपनस, वंपारा, इंग्लीश : शॅडॉक, पमेलो, लॅटीन : सिट्रस गॅडिस, सि. डिकुनामा, सि मॅक्सिसमा, कूळ : रूटेसी)

लिंबू वंशांतली एक फळ वनस्पत. हें झाड सुमार 4-5 मी. उंच वाडटा. झाडाक 15-20 सें.मी. व्यासाचीं वाटकुळीं फळां लागतात. फळांचे सरासरी वजन सुमार दोन किलो आसता. पांच कील वजनाचीं लेगीत फळां आसूं येतात. फळांत तांबशा रंगाच्यो बोयो आसतात आनी त्यो रोसाळ गरान भरिल्ल्यो आसतात.

तोरिंगाची लागवड बियांपसून वा कलमां लावन करूं येता. जून म्हयन्यांत 6 X 6 मी. अंतराचेर 60 X 60 X 60 सें. मि. लांब, रूंद आनी खोल नेमां मारतात. ह्या नेमांनी अर्द किल मसुरी फोस्फेट, अर्द किल स्टेरामील आनी 100 ग्रॅ. बी. एस. सी. 10% घालतात झाडाक थंडे तेंपार आठ दिसांनी एकदां जाल्यार गिमा तेंपार चार दिसांनी एकदां उदक दितात.



सारें दिल्यार तोरिंगाचें झाड बरें वाडटा आनी चड फळां दिता. एक वर्स पिरायेच्या झाडाक 100 ग्रॅम नत्र, 50 ग्रॅम स्फुरद आनी 50 ग्रॅम पलाश दिवंचें. तेभायर शेण, कंपोस्ट ह्या सारक्या सेंद्रिय साऱ्याचो वापर करचो. ह्या झाडाक रोग किडिचो त्रास चड करून जायना. केन्राय डींकया आनी खैऱ्या ह्या रोगांची लागण जावंक शकता.

ही वनस्पत मूळ मलेशिया आनी पॉलिनीशिया देशांतली. जावा ह्या देशांतल्यान ती भारतांत आयली असो उल्लेख मेळटा. तोरिंगाची लागवड अमेरिका, स्पेन, जपान, इटली, अर्जेंटीना, मेक्सिको, ब्राझील, मोरोक्को, इस्त्रायल, इजीप्त ह्या देशांनी करतात.

भारतांत ह्या पिकाच्यो सुदारीत अशो जाती विकसीत करूंक ना. पूण हेर देशांनी कांय जाती विकसीत करून वापरात आसात त्यो अशो - डंकन, फोस्टर, रॉयल, मार्श, थॉम्सन आनी रूबी. भारतांत ह्या पिकाची व्हडलीशी लागवड ना. पंजाब, महाराष्ट्र, कर्नाटक, तमीळनाडू ह्या राज्यांनी तोरिंगाची लागवड थोड्या प्रमाणांत करतात.

तोरिंगाच्या फळांत अ, ब आनी क हीं जीवनसत्वां आसतात. फळाच्या रसापसून स्कॉश, सिरप तयार करतात. फळांचो रोस पोटाचे विकार बरे करता. पानांचो रस कोले खांकीचेर वापरतात. फळ, फळाची साल, पानां हांचो बरोचसो वखदी उपेग जात. वखदी उपेग करचे पयलीं जाणकारांचो सल्लो घेवंक जाय.

गोंयांत वेपारी तत्वाचेर ह्या पिकाची लागवड केल्ली दिसना. हीं झाडां कोकणांतल्या कुळागरांनी, भाटांनी

आनी पोरसांनी लायिल्लीं दिसतात. तोरिंगांचीं फळां खावपा खातीर वापरतात. ताका तोरटासाणिची रूच आशिल्ल्यान खातांना ताचेर थोडी साकर घालतात. चवथीक हेर फळाफळावळी वांगडा तोरिंगय माटोळेक बांदतात.

- सं. मं

**तोळ : पळयात → टोळ**

**थळी, कृष्ण जगन्नाथ :** (जल्म : 1873,हणजूण, गोंय, मरण : 10 ऑक्टोबर 1946).

एक गोमंतकीय चित्रकार आनी संत चरित्रकार. ताचो मूळ गांव शिवोली (गोंय). घरांतूच ताचें मराठी शिक्षण जालें. ल्हानपणासावन ताका चित्रकलेची आवड आशिल्ली. वयाच्या विसाच्या वर्सा बापायच्या मरणा उपरांत घर सोडून तो मुंबय गेलो. थंय जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हातूंत ताणें पेंटिंगाचो कोर्स पुराय केलो. छायाचित्र कलेचोय ताणे अभ्यास केलो आनी ह्या दोन कलेंचो वेवसाय करून तो आपलो संवसार करतालो.

ताचो मूळचो पिंड धार्मीक आशिल्ल्यान ताका संतसमागमाची गोडी लागली आनी तातूंतल्यान ताच्या मनांत एका अभिनव कल्पनेचो उगम जालो. भारतांतल्या सगळ्या आधुनीक संतांचीं चरित्रां आनी छायाचित्रां हांचो संग्रह करून ते संतप्रेमी मंडळींक सादर करपाच्या कल्पनेंतल्यान 'श्री संतसंघ पुस्तकमालेची' निर्मिती ताणें केली. ताणें ह्या मालेचे सचित्र पाच भाग आकर्शकरितीन उजवाडा हाडले. तातूंत 251 संतांची छायाचित्रां आर्ट पेपरांत उजवाडा हाडून तांचो परिचय मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश ह्या भाशांनी थोडे भितर चित्रवर्णनांत करून दिला.

थळी हाच्या धार्मीक वृत्तीक आध्यात्मीक ओढ आशिल्ली. ताणे वाग्देव महाराजाच्या सहवासांत साधना केली, आनी ताचो अनुग्रह घेतलो. गोंयांत दोंगरे वयलो कृष्णभट बांदकार ह्या सत्पुरूशा कडेनय ताचो संबंद आयिल्लो. बांदकार ताका गुरूस्थानी आसलो. बांदकार कविवृत्तीचो पूण निरिच्छ स्वभावाचो आसलो. ताची शिंपडलेलीं पदां, नाटकां हांचो संग्रह करून तो उजवाडा हाडपाचें काम थळीन केलें. त्या ग्रंथाक विस्तृत चरित्राची जोडूय ताणें दिली. ताका लागून बांदकाराची वळख लोकांक जाली. हो सचित्र साधार ग्रंथ थळीच्या संपादन कौशल्याची कुशळटाय दाखयता.

गौड सारस्वत ब्राह्मणांच्या स्वामींची चरित्रांय ताणें बरयलीं. साधुवर्य गुलाबराव महाराज आनी रामप्रेमी मुक्ताबाई कृष्ण थळी हांचीय ताणें चरित्रां बरोवन उजवाडा हाडलीं. ताच्या नावार णव ग्रंथ प्रसिद्द आसात. तशेंच ताच्या दोन चित्रांक बाँबे आर्ट सोसायटीच्या प्रदर्शनांत पुरस्कार मेळ्ळ्या.

- सं. मं.

**थिबॉ राजवाडो :** कोंकणांतल्या, रत्नागिरी शारांतली एक इतिहासीक वास्तू.

बर्मा (म्यानमार) देशाचो निमणो राजा थिबा (1859-1916) हाचें हें हद्दी पारी काळांतलें निवास स्थान. ब्रिटिशांनी बर्मा देश हस्तगत करतकीर, आनी थंयची राजवट मोडटकीर, राजा आनी ताच्या समर्थकां कडसून कसलो उपद्रव जावंचो न्ही म्हणून, तेन्ना राजगादयेर आशिल्ल्या थिबॉ राजाक, 1886 त पयलीं मद्रासाक आनी उप्रांत रत्नागिरीक स्थानबद्द केलो. हांगा 1910 त राजा खातीर एक राजवाडो बांदलो. फुडें ताका थिबा - राजवाडो म्हणून वळखुपाक लागले. हांगा थिबॉ राजा, ताची घरकान्न राणी सुपयालत, आनी चार राज कुंवरी रावपाक लागल्यो.

तेवीस एकर जमनिचेर बांदिल्लो हो राजवाडो म्हणजे पॅगोडा वास्तुशास्त्राचो (बौद्ध वास्तुशास्त्र) एक उत्तम नमुनो आसा. मुखेल दोन मजली इमारत 60 मिटर लांब आनी 43 मिटर रूंद आसून, तिचें क्षेत्रफळ 25 हजार चौरस फूट आसा. तांबड्या फातराचें बांदकाम आशिल्ले हे वास्तूक सागवानी साज आसून दर्शनी वण्टींक



इटालियन रंगीत आरशे बसयल्यात. 1916 त थिबॉ राजाक मरण येतकीर ताचें दफन राजवाड्याचे कुशीक आशिल्ले मेकळे सुवातींत केलें. उप्रांत राणी सुपायालत आपल्यां धाकट्यां दोन धुवांक घेवंन बर्मा देशाक परतली. ते पयलीं थिबॉ राजाची व्हडली धूव, रत्नागिरीच्या एका सामान्य मनशा कडेन (द्वार रक्षका कडेन) आनी तिचे फाटली धूव एका सामान्य बर्मी मनशा कडेन राजा-राणिचे इत्स आड लग्न जावन गेल्लीं.

भारत स्वतंत्र जातकीर, ह्या राजवाड्याचो वापर सरकारी कार्यालयां खातीर जावंक लागलो. मध्यंतरी मुंबय विश्वविद्यालयाच्या उपकेंद्राचो वावर थंयच्यान चलतालो. 1999 त आर्कोलॉजीकल सर्वेऑफ इंडिया हे संस्थेन ताचो ताबो घेवंन थंय पुराण वस्तू संग्रहालय सुरू केलें. ह्या इतिहासीक राजवाड्याची फावशी जतनाय ना घेतिल्ल्यान ताची स्थिती सामकी वायट आसा.

मध्यंतरी म्यानमार (बर्मा) सरकारान, भारत सरकारा कडेन हे इतिहासीक वास्तुचे वायट स्थितीबद्दल नाराजी व्यक्त केल्ली. ताणी अशेंय सांगिल्लें की म्यानमार सरकारान जशें रंगून शारांत, भारताच्या निमण्या बादशहाची, बहादूरशहाची (1775-1862) कबर जशी सरकारी पांवड्यार एक दस्तावेज कशी सांबाळून दवरल्या, तशी थिबॉ राजवाडो सांबाळून दवरपाची भारत सरकाराची जापसालकी जाता.

कांय वर्सा आर्दी, थिबॉ राजाचे नातीन म्हणजे रत्नागिरीच्या द्वाररक्षकाकडेन लग्न जाल्ले ताचे धुवेचे धुवेन ह्या राजवाड्याचेर आपलो वारसी हक्क सांगिल्लो, जो सरकारान न्हयकारलो.

थिबॉ राजवाडो हें एका हद्दपारी राजाचें निवासस्थान इतक्यापुरतेंच ताचें अस्तित्व ना, तर एका इतिहासाची साक्ष म्हणून ताका म्हत्व दिवप गरजेचें आसा.

- सं.

**थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्र :** कोंकणी भास, संस्कृताय, शिक्षण आनी संशोधन मळार वावर करपी एक नामनेची संस्था. हिची स्थापना 1985 त मिरामार - पणजी (गोंय) हांगा जाली आनी सद्याक तिचो वावर पर्वरी (गोंय) हांगा तिच्या स्वताच्या संकुलांतल्यान चलता. फा. थॉमस स्टिफन्स (1549-1619) ह्या इंग्लीश जेज्युईत पाद्रिच्या नावान चलपी हे संस्थेचो कारभार गोंय विभागाच्या जेज्युईत पाद्रींच्या वेवस्थापनाखाला चलता. 1579 त गोयांत



येवंन मराठी आनी कोंकणी लेखन केल्ल्या फा. थॉमस स्टिफन्साचें हे संस्थेक नांव दिवंन संस्थेच्या जाळवणदारांनी ह्या म्हान भास पंडिताचो भोवमान केला. फा. मॅथ्यू आल्मेदा हो हे संस्थेचो संस्थापक संचालक आसलो.

रोमी आनी नागरी लिपींतल्या कोंकणीची उदरगत सादपाचें ध्येय नदरेमुखार दवरून, ह्या केंद्रान, संशोधन, प्रकाशन, प्रशिक्षण आनी हेर अॅकाडेमीक तशें शिक्षणीक

कार्यावरवीं आपलें कोंकणीचो वावर सातत्यान चलयला.

केंद्रान कोंकणीचें व्याकरण, शुद्धलेखन, कोश, उतरावळी, पाठ्यपुस्तकां अशीं भास-शास्त्रीय पुस्तकां उजवाडाक हाडल्या. कोंकणी शिक्षक, विद्यार्थी, संशोधक आनी हेरांक कोंकणीचें प्रशिक्षण दिलां. बाल साहित्य, बालसाहित्याच्यो सिडी, कॅसेटी तयार केल्या. कोंकणी शिकपी भुरग्यां खातीर शिक्षणीक- साधनां तयार केल्यांत. गोंय विद्यापिठाकडसून, कोंकणी संशोधन संस्था म्हणून मान्यताय मेळ सावन (1999), हे संस्थेन कोंकणी पि.एच.डी. विद्यार्थ्यां खातीर मार्गदर्शन आनी वाचप घराचो लाव दिला. हे संस्थे कडेन कोंकणी आनी हेर भासां वयले 16000 ग्रंथ आनी नियतकालिकां आशिल्लें एक सुसज्ज ग्रंथालय आसा. तशेंच हांगा येवंन कोंकणीचें अध्ययन आनी संशोधन करतल्यां खातीर हांगा निवासाची सोय आसा. हे संस्थेच्या कारभाराची दखल घेवंन, पयल्या जागतीक कोंकणी सांस्कृतीक संमेलनान हे संस्थेचो, तिच्या मोलादीक कोंकणी वावरा खातीर सन्मान केला (2010).

हे संस्थेन प्रकाशित केल्लीं कांय म्हत्वाचीं प्रकाशनां अशीं आसात.

1) A description of Konkani - Fr. Mathew Almeida, SJ

2) TSKK Linguistic Glossary - Fr. Mathew Almeida, SJ

3) Hansun Khellum Xikum - ia - Fr. Pratap Naik, SJ

4) Tisuaddecheo Igorzo - Fr. Moreno da Souza, SJ

5) Sonusarak Jezu diat - Fr. Vasco Rego SJ

6) Romi Lipient Konkani Kors, a Suppliment
by Fr. Apolinario Cardozo
and Mrs. Minakshi Khandolker

7) 'Sodd' वर्सुकी कोंकणी संशोधन पत्रिका

कोंकणीच्या वेगवेगळ्या मळार नावाजतो वावर करतल्यांचो पुरस्कार दिवंन केंद्र भोवमान करता.

कोंकणी भास, संस्कृती, शिक्षण, संशोधन सारखिल्ल्यां मळांचेर, हे संस्थेन केल्ल्या वावरांत फा. मॅथ्यू आल्मेदा, फा. प्रताप नायक, फा. मोरन द सौज, फा. वास्को रेगो, फा. आपोलिनारियु कार्दोज आनी हेरांचें व्हड योगदान लाबलां.

**- फा. आपोलिनारियु कार्दोज**

**दंडवते, मधु रामचंद्र :** (जल्म : 21 जानेवारी 1924, अहमदनगर - महाराष्ट्र).

भारताचो सुटके झुजारी. ताणें, एम. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 1942 तल्या 'भारत छाडो' आंदोलनांतलो तो वावुरपी वांगडी आशिल्लो. 1948 त तो प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी जालो आनी रोखडोच तो पार्टीच्या महाराष्ट्र राज्य फांट्याचो अध्यक्ष जालो. उपरांत तो अखिल भारतीय प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो जोडसचीव म्हणून वेंचून आयलो. फुडें प्रजा सोशलिस्ट पार्टी आनी समाजवादी सोशलिस्ट पार्टी एकठांय येवन सोशलिस्ट पार्टी तयार जातकच तो ते पार्टीचो सरचिटणीस जालो.

गोंयचे सुटके चळवळीच्या काळांत आपलो तेंको दिवंक तो 1,200 सत्याग्रह्यांचो पंगड घेवन गोंयात येवंक





घेवचें, उपरांत हें पीठ गरम आसतनाच हातान मळून मिक्सरांत घालून एकजीव करून चाळणीर चाळून घेवचें. उपरांत त्या पिठांत हींग, तीळ, ओवों, जिऱ्या पिठो, मीठ, मिरसांगे पिठो घालून भिजोवचें. दोन चमचे तेल घालून कालोवन घेवचें आनी चकरदात्यांत हें पीठ घालून चकऱ्यो तेलांत तळून घेवच्यो.

**2) मुगाची चकरी :** साहित्य : 1 वाटी मुगाची दाळ, 3 वाटयो रवो, तीळ, मिरसांगे पिठो, मीठ आनी जिऱ्या पिठो आनी हळदी पिठो.

रीत : रवो कपड्याक (पुडवें) बांदून वाफावन घेंवचो, मुगाचें दाळींत हींग, हळदी पीठो, थोडें उदक आयदनांत घेवन शिजोवन घेवचें. तातूंत रवो घालचो. उपरांत सगळें पीठ घालून मळून घेवचें. सदचेवरी चकऱ्यो काडच्यो. पूण मळिल्लें पीठ मोव पडूंक दिवचें न्हय. तशें केल्यार चकरेच्या आंगावयले कांटे शेणटले.

**3) तांदळाची चकरी :** साहित्य : 2 कपां तांदळा पीठ, देड कप मैदो, 1 चमचो हळदी पिठो, 2 चमचे ओवों, 2 चमचे तीळ, अर्द चमचो हींग, मीठ आनी तळपा खातीर तेल.

रीत : पिठाची पुडी करून तें कपड्यांतल्यान वाफावन घेवचें. तें पीठ चाळून तातूंत हेर साहित्य घालून मळून घेवचें. आनी सदचेवरीं चकऱ्यो तेलांत भाजून काडच्यो.

**4) कारवारी चकऱ्यो :** साहित्य : 5 वाटयो तांदळाचे पीठ, अर्द वाटी उडदाची दाळ, 1 वाटी चण्यादाळ, ओवों, मीठ, मिरसांगे पिठो, 4-5 चमचे तेल वा घरगुती 2 चमचे लोणी.

रीत : उडदाची दाळ भाजून भिजोवन बारीक वाटून घेवची. चण्यादाळी पीठ भाजून घेवेचें. सगळें साहित्य घालून पीठ एकठांय करून चाळचें आनी थोडें थोडें कालयिल्लें पीठ घेवन चकऱ्यो करच्यो. एका वांगडाच करच्यो न्हय.

**5) बटर चकरी :** साहित्य : 2 वाटयो तांदळा पीठ, अर्द वाटी उकडिल्ल्या बटाटाचो गिरोप, 1 वाटी लोणी, मीठ, जिरें, हींगाचो पिठो, अर्द चमचो मक्याचें पीठ (कॉर्नफ्लॉवर).

रीत : लोणी धुवन नीतळ करून फेसून घेवचें, पीठ, मीठ, बटाटांचो गिरोप घालून हेर साहित्यां वांगडा हिंगाच्या उदकान मळून घेवचें. हें पीठ पातळ जालें तर, तातूंत दाटसाण येवपा खातीर कॉर्नफ्लॉवर घालचो, आनी सदचे वरीं चकरी करची.

चत्राय : तांदळा पीठा जाग्यार उब दिल्लो मैदो वापरल्यार जाता.

**6) मैदो-तांदूळ चकरी :** साहित्य : 2 वाटयो तांदळा पीठ, 2 वाटयो मैदो, अर्दी वाटी वनस्पत तूप, 1 चमचो मीठ, अर्द चमचो हळडी पिठो, 3 चमचे मिरसांगे पिठो, 1 चमचो गरम मसालो, 1 चमचो सुकी कोथंबीर, 1 चमचो जिऱ्या पिठो, 25 लसणीच्यो बोयो वाटून घालच्यो.

रीत : वनस्पत तूप गरम करून पिठांत ओतून पीठ हळडुवें जायसर मळून घेवचें. थंड उदकांत हें पीठ बरें, जाय तशें घट्टसार जाता. 1 ते देड वरांनी सदचेंवरीं चकऱ्यो करच्यो.

- सुफला रूद्राजी गायतोंडे

**चटणी :** एक खाण प्रकार. सोय, मिरसांगो, आमटाण, ओली कोथंबीर आनी हेर जिन्नस घालून ती तयार करतात. ही चटणी जोंदळ्या भाकरी, नासण्या भाकरी, चपाती, पोळे, पाव, सामोसा, इडली, सँडवीच आदी हांचे वांगडा तोंडाक लावन खातात.

आदल्या तेंपार ही चटणी सोय, हरव्यो मिरसांगो, आमटाण, तोराची फोड, ओली कोथंबीर घालून करताली. ही चटणी कोंकणांत चडशा वाठारांनी प्रचलीत आसा. आदले लोक शिता वांगडा कालोवपाक कांयच ना जाल्यार ही चटणी शितांत कालोवन जेवताले.

**चटण्यांचे प्रकार :**

**1) चपाती चटणी :** साहित्य 1 वळें सोय, 4 हरव्यो मिरसांगो, चवीपुरतें मीठ, आमटाण, अर्द चमचो साकर.

रीत : सगळें साहित्य बारीक वाटचें. ही चटणी दाटशीच वाटची. उदक घालतना चडूय घालचें न्हय. उपरांत चपाती, पाव हांचे वांगडा खावची.

**2) सँडवीच चटणी :** साहित्य : 1 वळें सोय, 5-6 हरव्यो मिरसांगो, चवीपुरतें मीठ, आलें, साकर, 4-5 लसणीच्यो बोयो, आमटाण आनी 4 पुदीनाची पानां.

रीत : हें साहित्य मिक्सरांत घालून, इल्लेशें उदक घालचें आनी वाटून घेवचें. दाटसाण वा पातळसाण पळोवप जाय जाल्यारूच उदक घालचें आनी वाटून घेवचें.

ही चटणी पावाक (स्लायस ब्रेड) लावन खावपाक रूचीक लागता.

**3) ब्रेड भजीं चटणी :** साहित्य : 1 वळें सोय, 6 हरव्यो मिरसांगो, चवीपुरतें मीठ, साखर, आलें, लसूण, आमटाण आनी चिमटीभर ओंवो, भज्यांखातीर पिठी कालोवन दवरची.

रीत : सगळें साहित्य एकठांय करून वाटून घेवचें. दाटशेंच दवरचें. पावांत (स्लायस ब्रेड) ही चटणी घालची आनी तो पाव चटणीसयत भज्याचे पिठयेंत तेलांत बुडोवन तळचो आनी गरम गरम खावचो.

**4) हरवी मिरसांग चटणी :** 1 वळें सोय, 6 हरव्यो मिरसांगो, चवीपुरतें मीठ, साखर, आमटाण, लसूण.

रीत : सगळें साहित्य एकठांय वाटून घेवचें. दाटशेंच दवरचें. (जाल जाल्यार ओली कोथंबीर घालची)

**5) तीळ चटणी :** साहित्य : 100 ग्रॅ. तीळ, 50 ग्रॅ. भिकणां, 25 ग्रॅ. सोय, चवीपुरतो हींग, मिरसांगे पिठो, मीठ.

रीत : तेलांत हींग, तीळ तळसून घेवचो. भिकणां सोय किसून वेगवेगळी भाजून घेवची. भिकणां, हींग तीळ खलबत्त्यांत कुटून घेवचो. मीठ सोय, मिरसांगे पिठो अळंग कालोवन घेवचो. कुटाचो गुळो जावचो न्हय हाची जतनाय घेवीच. जोंदळो, नाचण्या भाकरे वांगडा ही चटणी रूचीक लागता.

**6) लसणी चटणी :** साहित्य : 4 लसणीचे कांदे, 100 ग्रॅ. आलें, 200 ग्रॅ, गॉड, 15 सुक्यो मिरसांगो, अर्द वाटी लिंबू रोस, तेल, रूचीपुरतें मीठ.

रीत : आलें, लसणीच्यो बोयो मोटव्योशोच वाटून घेवचें, तेल तापोवन फोडणांत घालून आलें - लसणीचें वाटप परतून घेवचें, गॉड, लिंबू रोस, मीठ घालून घट्ट जातकीर तेल सुटले उपरांत गॅस बंद करचो. (4-5) सुक्या मिरसांगे कुडके लसणीच्यो 5 बोयो घालून परत फोडणी दिल्यार आनी वेगळीच रूच येता)

**7) करबिलाची चटणी :** साहित्य : 1 वाटी करबीलाची पानां, 8 सुक्यो मिरसांगो, 1 व्हडलो चमचो उडदांची दाळ, 1 व्हडलो चमचो चण्याची दाळ, अर्द

लिंबा रस, 1 चमचो साखर, पाव वाटी तीळ, मीठ.

रीत : मिरसांगो तेलांत परतून घेवच्यो. तेच कायलींत करबिलांचीं पानां परतून घेवचीं, सगळें साहित्य एकठांय दाटशेंच वांटून घेवचें.

(चत्राय : केन्नाय करबिलाची पानां घरांत नासत तर ही चटणी करबीला वाट्याची फोडणेक खातीर वापरची).

**8) भिकणां चटणी** : साहित्य : 1 कप भाजिल्ली भिकणां, 1 व्हडलो लसणीचो कांदो, 1 चमचो मीठ, 1 चमचो मिरसांगे पिठो, भाजिल्ले 1 गुडगुडो नाल्ल.

रीत : लसूण, मिरसांगेचो पिठो, मीठ, नाल्ल किसून भाजिल्लो वाटून घेवचो. उपरांत तातूंत सहजतायेन भिकणां धाडावन घेवचीं. ही चटणी सुटसुटीत (सुकी) उरता.

(चत्राय : ही चटणी खलबत्त्यांत बारीक मोटीशीच धोडावन घेतल्यार चड रूचीक लागता. मिक्सरांत वांटून घेतल्यार तिचो गुळो जाता.)

**- सुफला रूद्राजी गायतोंडे**

**चानी :** कोंकणांत गावांलागीं रावपी एक सोबीत ल्हान प्राणी. विभाग (division) पृष्ठवंशी (vertebrates), वर्ग (class) स्तनिवर्ग (Mammal), गण (order) - कृंतक (Rodentia), कूळ (family) सायूरिडी (Sciuridae).

चानयो ल्हान वा मध्यम आकाराच्यो आसतात. तांची कूड ल्हान हुंदरायेदी आसता. ती सोंशायेदी लेगीत आसूं येता. चानयेची लांबाय 10 ते 70 सें.मी. आसून वजन 6 कि.ग्रॅ. लेगीत आसूं येता. कूड तशी नाजूक आसता. त्या मानान दोळे मोटे आनी भायर सरिल्ले आसतात. चानयेचे फाटले पांय बळीश्ट आसून शेंपडी लांब आसता. तिची शेंपडी केंसांचो गोंडो कसो आसता. झाडाचेर रावपी चानयो आपले शेंपडेचो वापर संतोलक (कुडीचो तोल सांबाळपी) म्हूण करतात. तांच्या फुडल्या दोनूय पांयांक चार बोटां आनी फाटल्या पांयांक पांच बोटां आसतात. 'फ्लाईंग स्कीरल' (flying squirrel ) हे जातीचे



चानयेक फुडल्या ते फाटल्या पांयांमदीं एक कातीचो पड्डो आसता.

चानयो तरेकवार रंगांच्यो आसतात. देखीक - काळसर ताचेर धवे पटे, तांबसर हळडुवो, लेव काफयेचो रंग आदी. चानयेचो रंग तिची जात, सुवात आनी हवामान हांचेर आदारून आसता. चडश्यो चानयो दिसाच्यो कसल्या ना कसल्या तरी उद्देगांत गुंतिल्ल्यो आसतात. थंड वाठारांतल्यो जमनीवयल्यो चानयो शिंयाच्या दिसांनी 'शीतसुप्तींत' (winter sleep) वतात.

चानयो संवसारांतल्या चडशा सगळ्या वाठारांनी दिसून येतात. पूण त्यो ऑस्ट्रेलिया, सामको ध्रुवाकडलो वाठार, मादागास्कर, न्यूझीलंड, हवाई जुंवे हातूंत सांपडनात. उश्ण कटिबंधातल्या वाठारांत, खास करून भारतांत चानयो खूब प्रमाणांत दिसून येतात. तांचे सुमार 40 वंश आनी सुमार 250 वयर जाती आसात.

भारतांत चानयांच्यो दोन जाती दिसून येतात. हातूंतले मनशाचे वसती भोंवती रावपी चानयेक 'सामान्य चानी' अशें म्हणटात. हिंचें शास्त्रीय नांव 'फ्लुनॅब्युलस पेन्नांटाय' आसून दुसरेचें 'फ्युनॅब्युलस' पामेरम' अशेंनांव आसा. दोनूय जाती हिमालयाच्या मुळसासावन सकयल सगळे कडेन सांपडटात. सामान्य चानी शेतां, माळरांना, मनशाचे वसती भोंवतणी तशेंच शारां, गांव खेडी हातूंत

रावता. 'फ्युपामेरम' ही जात रानांत रावपी आसून भारताच्या दक्षिण तशेच उदेंत आनी अस्तंत वाठारांनी ती चड सांपडटा. उत्तर भारतांत सामान्य चानयांचे प्रमाण चड आसा. सामान्य चानयेच्या आंगाचो रंग चॉकलेटी आसून ताचे पांच पट्टे आसतात. सामान्य चानी चपळ आनी चलाख आसून जमनीचेर वा झाडाचेर उडयो मारीत एकसारकी धांवत आसता. ह्या नाजूक प्राण्याच्यो सगळ्यो हालचाली ओडलायण्यो आसतात. फळां, सांगो, तन्रे कोंब, कळयो, फुलांतले म्होंव ही चानयांची खावड जावन आसा. कांय चानयो किडी आनी शेवण्यांची तांतयां खातात.

चानयांचे प्रजोत्पादन खावड, बरें वातावरण आनी हवामान ह्या गजालींचेर आदारून आसता. नर आनी मादी दोन-तीन दिसूच एकठांय येतात. ह्याच काळांत गर्भधारणा जाता आसूंक जाय. गाभण काळ 30 ते 45 दिसांचो आसता. पिलांचो जल्म जावपाच्या सुमाराक मादी पिलांखातीर झाडाचेर वा वण्टीच्या बिळांत घोंटेर बांदता. दर खेपे मादीक तीन ते चार पिलां जातात. तांचे वजन 10 ते 30 ग्रॅम इतलें मेरेन आसता. जातना तीं कुड्डीं आसतात आनी कात सुळसुळीत आसता. आवाज मात पयल्याच दिसा फुट्टा. पिलां 1 ते 3 वर्सांनी व्हडलीं जातात. चानयो सरासरी 8 वर्सां मेरेन जियेतात.



चानयांच्या जातींचे कांय मुखेल प्रकार आनी त्यो सांपडपी वाठार अशें : युरोपीयन रेड स्क्वीरल (European red squirre) युरोप, चीन, कोरिया, जपान, ग्रे स्क्रिरल (Grey squirrel) कॅनडा, अमेरिका, इंग्लंड, दक्षिण आफ्रिका, आफ्रिकन जायंट (African Giant) आंगोला, केनिया, आफ्रिकन ग्राउंड (African Ground), मोरोक्को, केनिया, थर्टीन लायन्ड ग्रावंड (Thirteen lined ground), कॅनडा, अमेरिका, रेड जायंट फ्लाइंग (red Giant flying) काश्मीर ते चीन, नॉर्थन फ्लाईंग, (Northen flying) ब्लॅक जायंट (Black Giant) ब्रह्मदेश ते इंडोनेशिया, आफ्रिका पाम स्क्रिरल (Africa palm squirrel ) घाना, सीअरा लोओन, इंडीयन जायंट (Indian Giant), भारत, मलायन जायंट, (Malauan Giant) आनी हिमालयीन स्क्वीरल (Hiamalayan squirrel) भारत, नेपाळ, भुतान, सिक्कीम, स्टायप्ड स्क्वीरल (striped squirrel) - भारत.

चानयेचो उल्लेख लोक साहित्यांत जायते कडेन आयला. जगम नावाचें एक फळ आसा. हें फळ पिकलें तरी टणकच उरता. मोव जायना. हातिच्या दोनय ताश्टांमदीं ताका दवरून, ताचेर ताश्टांचो ल्हवसो दाब घालून तें मोव करता. मोव करचे पयलीं जगमाची रूच तोरट आसता. मोव करतकीर ती तोरट - गोड जाता. ही मोव करपाची क्रिया चलता तेन्ना ती करपी 'चानये चानये मोव कर, जगमा जगमा गोड कर' अशें तोंडांतल्यान म्हणटा.

कोंकणांत शिगम्याच्या एका गितांत चानयेचो संदर्भ सकयल्या गिताच्या ओळिंनी आयला.

**चानयेच्या पिला तुका तीन गो पाट**
**रावणान सितेक व्हेल्या, दाखय वाट**
**शबै ! शबै!**

**कोंकणी वाक्प्रचार : चानयेचो वांटो उखलप.** हाचो अर्थ आपणाक तांकता तितकें योगदान दिवप. हाच्या फाटलो संदर्भ असो आसा.

श्रीरामान लंकेक वतना रामेश्वराक जो सेतू बांदिल्लो, तो बांदपाक रामाचे वानरसेने वांगडा एके चानयेनय आपले परीन सेतू बांदकामाक आपलो हातभार लायिल्लो. सेतू बांदकामा खातीर लागपी फातरांमदलो एक ल्हानसो फातर चानयेन समुद्रांत सोडिल्लो, अशी आख्यायिका आसा. हाचे वयल्यान कोणय व्हड कामाचो आपणाक जमता तेदो भार उखलता तेन्ना ताणे चानयेचो वाटो उखल्लो म्हणटा.

**- सं.**

**टांगो :** एका प्रकारची घोडो -गाडी. फुडें घोडो आनी ताचे मानेर बांदिल्ल्या जूंक जोडिल्ली फाटली दोन चाकां वयली उक्ती गाडी असो ताचो आकार आसता. चडशें टांगे हे दोन चाकी आसलें, तरी कांय टांग्यांक चार चाका आसलीं. गाडयेच्या फुडल्या भागार टांगोवाल्याक (घोडो आमुडपी) बसपाची उंचेली बसका आनी फाटल्यान प्रवाशांक (चड करून दोगच) बसपाची वेवस्था अशी ताची मांडणी आसता. गाडयेंत चडपाक प्रवांशां खातीर एक सपाण आनी वत-पावसापासून संरक्षण घेवपाक माथ्यार दोडिचें छप्पर आसता.

आदल्या काळांत, संसारभरच्या शारांनी टांगे उबे आसताले. यांत्रीक वाहनापरस टांग्याचो प्रवास सवाय आसतालो. आनी टांग्याची गाडी उक्ती आशिल्ल्यान प्रवासांत शाराचें मेकळेपणान दर्शन जातालें. तेखातीर शारांतले पर्यटक टांग्याक चड पसंत करताले. टांगो प्रवास



**चार चाकी टांगो**

सवाय जाल्ल्यान, सर्वसादारण मनीसय बाजार करपाक वा हेर प्रवासाखातीर टांग्याचो उपेग चड करताले. आतां जशे यांत्रीक रिक्शांचे स्टँड आसा तशे आदल्या काळांत टांग्यांचे स्टँड आसताले.

सर्वसादारण मनशाच्या प्रवासा खातीर टांगो शारांत पावचे पयलीं, घोडो-गाडी हें खानदानी लोकांचें प्रतिश्टेचें वाहन आसलें. खूप आदीं सावन राजा-महाराज आनी सरदार - वतनदाराचे कुटुंबीय सोबीत अशा घोडो-गाडयांनी प्रवास करताले. असो प्रवास करप हें प्रतिश्टेचें लक्षण मानप जातालें. लग्न-कार्य वा हेर सण-सुवाळ्यांनी घोडो-गाडयेन यो वच करप हें गिरेस्त लोकांचें एक खाशेलेंपण आसतालें. हालीं हालीं लेगीत राष्ट्राध्यक्ष वा पंतप्रधान वा राजा, राणी, राष्ट्रीय कार्यावळीक घोडो-गाडयेन हजेरी लावपाची प्रथा आसली. इंग्लंडची राणी व्हिक्टोरिया घोडो - गाडयेन राज-महालाच्या परिसरांत वावुरताली. ताचे वयल्यान हे गाडयेक व्हिक्टोरिया अशेंय नांव पडलां आसतकसलें. उपरांत सुरक्षेचे तजविजेक लागून महनीय व्यक्तिचे, उक्ते गाडयेंतल्यान यो-वच करप बंद जालें. तरीय थारावीक प्रसंगाचेर एक प्रथा म्हणून आजय राष्ट्रीय महनीय व्यक्ती घोडो - गाडयेचो वापर करता. पर्यटकांक एक आकर्शण कशें म्हणून कांय पर्यटक आस्थापनांनी घोड्या गाड्यांचो



दोन चाकी टांगो

वापर जाता.

आयच्या काळांतले लोक, आपले गतीमान जिवन पद्दतीची गरज म्हणून घोड्या- गाडये परस, चड जलद गतीन धांवपी यांत्रीक रिक्शांचो वापर करप पसंत करूंक लागले. तेभायर आयचे दाटी-वटिच्या शारांतल्या प्रवासाक, घोड्या- गाडी हें आडखळिंचे वाहन जाता जाल्ल्यान, भारतांतल्या भोवतेक शारांनी टांगो हे आदल्या काळांतलें एक आकर्शक आनी लोकप्रिय वाहन कुशीक पडलां. कांय शारांत ह्या वाहनांचेर कायदेशीर बंदीय घाल्ली आसा. प्राणी - मोगी लोकांचो टांग्याखातीर घोड्याच्या वापराक विरोधय जालो.

ह्या वाहनांचें एक तरेचें अप्रूप आसलें. म्हणून ह्या वाहनाचेर आदारीत कितलेशेच चित्रपट आयल्यात. टांगेवाली, व्हिक्टोरिया नं. 203, बंधन, बसंत, नया दौर, गरम हवा, शोले हे तातुंतले कांय चित्रपट आसात.

**- सं.**

**तेरेखोल किल्लो** : उत्तर गोंयचे तेरेखोल न्हंयचे उगमाचे सुवाते वयर तेरेखोल किल्लो आसा. तेरेखोलचो किल्लो पेडणें म्हालांत आस्पावता आनी 1627-40 ह्या मजगती तो सावंतवाडीकर राजा खेम भोसलो दुसरो, हांणी बांदिल्लो. पुर्तुगेजांनी तो आपल्या ताब्यांत घेतलो आनी वास्तूंत खूब बदल केलो. तातूंत एक कपेलूय बांदलें.

हांगा कितल्योश्योच इतिहासीक घडणुको घडल्यात. 1746 तली मार्किझ दी आलोर्नाची (Marquez de Alorna) घुरी, 1835तलो मिलिटरी रिवोल्ट, 1954 तलो आल्फ्रेड आफोंसोचो सत्याग्रह आनी किल्ल्याचेर हुबयल्लो तिरंगो अशो कितल्योश्योच घडणुको.

1746 वर्सा मेरेन तेरेखोलचो किल्लो सावंतवाडीचो राजा भोसलो हाचे सुवादीन आशिल्लो. 1746 त पुर्तुगेज अधिकारी मार्किझ दि अलोर्ना हाणें घुरी घालून तो आपल्या ताब्यांत घेतलो. मागीर परत मो भोसल्यान घेतलो आनी निमाणो 1788त तो पुर्तगेजांनी आपल्या शेकातळा हाडलो.

पेडणें म्हाल हो पुर्तुगेजांनी घेतिल्लो सगळ्यांत निमाणो म्हाल. 1788 सावन गोंय पुरायपणान पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आयलें. महाराष्ट्राचे दोन सत्याग्रही हिरवे गुरूजी आनी शेषनाथ वाडेकारान 15 ऑगस्ट 1955 त थंय सत्याग्रह केलो. पुर्तुगेज पुलिसांनी घाल्ल्या गुळयांनी तांकां वीरमरण आयलें. 1954 ह्या दिसा आल्फ्रेड आफोंसो हांणी आपल्या सत्याग्रहींच्या पंगडा सयत तेरेखोल किल्ल्या मुखार सत्याग्रह केलो आनी बावीस वरां खातीर भारताचो तिरंगो तेरेखोलच्या किल्ल्यार हुबयलो.



तेरेखोलचो किल्लो हो आमच्या स्वातंत्र्यलढ्याचें एक स्मारक. थंय, गोंय सरकारान एक हुतात्मा स्मारक बांदलां. सद्याक ह्या किल्ल्याचें रूपांतर एका हॉटेलांत केलां.

- **सं. मं.**

**दाल्गादो कोंकणी अकादेमी :** साहित्य शिक्षण, संस्कृती आनी हेर मळांचेर कोंकणीचो आनी विशेशतायेन, रोमी लिपींतले कोंकणीचो वावर करपी गोंयातली एक संस्था. हिची स्थापना 28 ऑगस्ट 1988 ह्या दिसा जाली आनी फा. फ्रेडी जे. द. कोस्ता हो तिचो पयलो अध्यक्ष आसलो. उपरांत फा. आंतिमु गोमीश, तोमाझीन कार्दोज आनी प्रेमानंद लोटलीकार हे अध्यक्ष जाले.

व्हड भास-शास्त्री आनी कोशकार आसलो, गोंयचो म्हान मनीस, मोंस्यियोर सेबिस्तियांव, रूदाल्फ दाल्गादो, हाचें नांव हे अकादेमीक दिलां.

कोंकणी भाशेची, विशेश करून रोमी लिपींतले कोंकणी भाशेची सर्वांगी (भास, साहित्य, संस्कृती, शिक्षण, संशोधन आदी) उदरगत करपाचें उद्दीश्ट दवरिल्ले हे संस्थेन कोंकणीच्या जायत्या मळांचेर आपलें योगदान दिलां.




कोंकणी कथा, कविता, निबंद, एकांकी, नाटक, कादंबरी, पत्रकारिता अशा विशयांचेर नवोदितांक मार्गदर्शन करपी शिबिरां आयोजीत करप, कथा-वाचन सर्ती घडोवन हाडप अशो ही संस्था कार्यावळी करता. तेच परीन संपादकांचो मेळ, कोंकणी संस्थांचो मेळ बरोवप्याक भेट घडोवन हाडटा. कोंकणी (रोमी लिपी) साहित्य आनी संस्कृती संमेलन ही दाल्गाद कोंकणी अकादमीची एक म्हत्वाची कार्यावळ आसा. ह्या संमेलनांत रोमी लिपींतल्या सगळे तरेच्या साहित्याचेर आनी कोंकणी संस्कृतीचेर जाणकारां कडल्यान भासाभास जाता आनी तेच परीन कोंकणी संस्कृतीचें सादरीकरण जाता.



कोंकणी लिपींतल्या कोंकणी साहित्याक, कलेक, पुरस्कार दिवन संस्था कोंकणी बरोवप्यांचो मान सन्मान करता.

संस्थेन प्रकाशीत केल्लीं प्रकाशनां :

1) 'कोंकणी लिटरेचर इन रोमन स्क्रीप्ट - अ ब्रीफ हिस्ट्री' हें डॉ. ओलिविन्यू गोमीश हाणे बरयल्ल्या पुस्तकांत कोंकणी साहित्याचो (रोमी लिपींतल्या) इतिहास सांगला.

2) 'सांखळ' ही श्री बोनाव्हेंचर डिपियेत्र हाणे बरयल्ली रोमी लिपींतली कोंकणी कादंबरी, गोंयच्या किरिस्तांव समाजाचे चालीरितीचेर आदारीत आसा.

3) 'रोमी लिपींत कोंकणी बरोवची रीत' हें पुस्तक भास शास्त्री डॉ. प्रताप नायक हाणे बरयलां.

हे अकादेमीचें कार्यालय पणजी (गोंय) हांगा आसा. हे संस्थेच्या कार्याक सरकारी अनुदानाचो पालव मेळटा.

- **सं. मं.**




The testimonial in Konkani Language as published in "Hortus Malabaricus" a comprehensive treatise that deals with the medicinal properties of the flora in the Indian state of Kerala concieved by Hendrik van Rheede who served as a governor of Dutch Malabar between 1670 and 1677. The testimonial certify the authenticity of medicinal information recorded in the Volumes. It has been inscribed in Konkani Language, duly signed by Ranga Bhatta, Vinayaka Pandit and Appu Bhatta, three Konkani Physicians, who were the prominent contributers to the work. Apart from Latin, the plant names have also been recorded in Konkani Language in these volumes.

ISBN 978-83-8258205-2

